पुस्तकाचे फाटले वटेन एक शिल्पाकृती दिल्या. शिल्पांत तीन जोतिशी बुद्धभगवानाची आवय राणी महामाया हिका पडिल्ल्या सपनाचो अर्थ राजा शुद्धोधनाक सांगतात अशें दाखवलां. शिल्पांचे सकयले वटेन एक बरोवपी तें सांगप बरोवन घेता. भारतांतल्या लेखनकलेची ही अशे तरेची सगळ्यांत पुर्विल्ली नोंद आसूंये.

नागार्जुनकोंडा, दुसरो शेंकडो, इसवी.

नॅशनल म्युझियम, नवी दिल्ली हांचे बरेपणान.

साहित्य अकादेमी तस्रीप मेळिल्लो कन्नड कादंबरी

# शीम हुपतना...

बरोवपी

**सन्तेशिवरा लिंगणैया भैरप्पा**

अणकार

**अलका सिनाय असोळडेकार**







साहित्य अकादेमी

Sheem Hupatana *(शीम हुपतना)* :
Konkani Translation by Alka Sinai Assoldekar of
S. L. Bhyrappa's Akademi Award Winning Kannada novel *Daatu*
Sahitya Akademi, New Delhi (2007), Rs. One Hundred and Fifty


First Edition : 2007

**Published by :**
Sahitya Akademi

**Head Office :**
Rabindra Bhavan, 35, Ferozeshah Road, New Delhi-110 001

**Sales Department :**
Basement in 'Swati', Mandir Marg, New Delhi-110 001

**Regional Offices :**
172, M.M.G.S. Marg, Dadar (East), Mumbai-400 014
Jeevan Tara, 23A/44X, Diamond Harbour Road, Kolkata-700 053
Central College Campus, Dr. Ambedkar Veedhi, Bangalore-560 001

**Chennai Office :**
Guna, 443 Anna Salai, Teynampet, Chennai-600 018

ISBN 81-260-2358-9

मोल : 150 रुपया

**Cover Design :** J. W. Parchure

**Typeset at :** All Reach Enterprises, Mahim, Mumbai 400 016.

**Printed at :** New Age Printing Press, Prabhadevi, Mumbai 400 025

# एक

## 1

तिरुमलापूर हें नांव कित्यावयल्यान आयलें हें समजून घेवचेखातीर व्हडलीशी तकालस घेवपाची गरज ना. तिरुपती श्रीनिवासाच्या म्हणल्यार तिरुमला देवळावयल्यान गांवांक हें नांव पडलें. जांकां व्हडल्या तिरुपतीक वचपाची तांक ना तांणी भक्तीभावान ह्या श्रीनिवासाची पूजा केली जाल्यारूय येवजिल्लें साध्य जाता. आर्सिकेरे लागसारच्या मालेकल्लू तिरुपतीचोय असोच भावार्थ आसा. पूण तातूंतय एक फरक आसा. कितलेंय म्हणलें तरी मालेकल्लू हो एक दोंगर. तितलें तरी ताचें मूळ तिरुपतीकडेन साम्य. पूण तिरुमलापूरांतलें देवूळ काय अशें उंचायेर ना. सामकें सपाट जमनीचेरूय ना. तळ्या बांदाचे देंवतेर सकयलेवटेन व्हाळाच्या शेजराच आसा. गांवाभायरूय म्हणल्यार जाता.

खरें म्हणल्यार विष्णूचें देवूळ गांवांभितर आसता. विश्वाचें पालन करपी विष्णू गांवांमदीं आसप गरजेचें. प्रलयकारी शंकराची वसती मात गांवांभायर. पूण तिरुमलापूर गांव देवळाचे पलतडी वसला. म्हणल्यार चडटेर. देवळाकडल्यान सुमार तीन फर्लांगां पयस. गांवांलागसारूच वयलेवटेन व्हडलें तळें. बांदाचे देंवतेर सकयलेवटेन तिरुमल देवस्थान. देवस्थानाकडेन वचपी रस्त्याचे दोशीवटेन कुचकुचीत माडाचें भाट, शेतां, कुळागरां. शेजारचें तळें हुपून वतकीच पलतडीन गांवचो म्हारवाडो आनी मांगवाडो.

ह्या म्हारवाड्याक आनी मांग वसतेक गांवचो भाग मानलो जाल्यार मात हें देवूळ गांवाच्या मदेकांत आसा अशें म्हणपाक जाय. पूण आजून गांवाभोंवतणचो तटबंदेचो बरोच भाग उरला. तेखातीर हे वसतेक गांवचो भाग म्हणिनासतना फकत म्हारवाडो वा मांगवाडो म्हणल्यार ताची कांयच फोडणिशी जायना. हालींसरा हे वसतेंतल्या कांय जाणांनी 'आपलो ह्या गांवांकडेन कसलोच संबंद ना. तेपरस आमी हरिपूर ह्या नांवान स्वतंत्र गांव म्हूण रावया' म्हूण नेटान येत्न लेगीत केल्लो. नांव बदलप म्हणल्यार नवें नांव जल्माक येवप. एकाद्रो नवो देश जल्म घेवंक लागतकूच जसो मूळ देश ताच्या गर्भपात करपाक मुखार सरता, तशेंच हांगा जालें.

तिरुमलापूरकारांनी ताका खर विरोध केलो. भोंवतणच्या गांवांनीय आडमेळीं हाडलीं. इतल्या व्हडल्या समाजान विरोध करतकीच बाबडें सरकार तरी कितें करतलें? सरकार तर भोवसंख्येच्या मनाविरुद्ध कशें वागतलें? म्हणूनच आयजूय ही वसती तिरुमलापूराचीच म्हूण वळखतात. सरकारी दरबारांत, अर्थीक वेव्हारांत ही तिरुमलापूराची मांगवसती आनी म्हारवसती. पूण हालींसरा मात तांकां हरिजन म्हणपाक लागल्यात. देवळाचे मुखेल पुरोयत म्हणटात, 'हरीचें नांव म्हारांनी घेतलां. पूण म्हणून म्हारां हीं हरीचीं जावंक नात.'

हें जालें गांवच्या समाजाविशीं. हांगासरल्या देवळाचो आनी गांवचो इतिहासूय पळोवपासारकोच. हें विष्णूदेवस्थान स्वता जकणाचार्यांनी बांदलां अशें गांवांभोंवतणचो भक्तगण व्हडा अभिमानान हड्डें वयर करून सांगता. हातूंत कितलें तथ्य आसा हें सांगप मात कठीण. जिल्ल्याचो इतिहास बरोवपी ब्रिटीश पंडित डॉ. आर एफ फ्लीट हांच्या मताप्रमाण जकणाचार्य नांवाच्या नामनेच्या वास्तुशास्त्रज्ञाचे शैलींत तांगेले परंपरेंतल्यान ल्हान-व्हड वास्तुकारांनी देशांत देवस्थानां उबारलीं. हे शैलीची बेलूर- हळेबिडु हांगासरल्या देवस्थानानीं दिसपी मुखेल लक्षणां हांगा दिश्टी पडटात. शैलीच्या वा गुरूच्या नांवान व्हडपण मिरोवपाचें म्हूण सगळे आपल्या गांवांतलें देवस्थान खुद्द जणकाचार्यान बांदलां अशें सांगतात. हें तिरुमलापूराचें देवस्थानूय तातुंतलेंच एक.

डॉ. फ्लीट हांच्या मताचेर विश्वास दवरपाक कांय हरकत ना. पूण इतिहासीक नदरेन चड विवादात्मक अशी आनीक एक गजाल आसा. हें गांवांभायर आशिल्लें मूळ शैव देवस्थान. आयजूय देवळामुखार आशिल्ले मंडपाचे अवशेश हाका साक्षी आसात. विष्णूदेवस्थानामुखार कोणूय गरुडाखातीर मंटप बांदिनात. फकत शिव देवस्थानामुखार नंदी मंटप आसता. हें सगळ्यांक खबर आसा. ह्या गांवांतले मूळचे पाळेगार, वैष्णव संप्रदाय प्रचारान प्रभावित जाल्ले. तांणी देवळांतल्या शिवलिंगाचो विद्वाट करून थंय विष्णूची स्थापणूक केल्ली. ताचे पयलीं तांणी विंगड एक देवस्थान उबारपाचो येत्नूय केल्लो अशें म्हणटात. तेखातीर मनाप्रमाण कलाकार मेळ्ळे नात. ते भायर हें खुद्द जकणाचार्यान उबारिल्लें देवस्थान. मूळच्या शिवभक्तांक धांवडावन तांणी हें देवस्थान वैष्णवांच्या ताब्यांत दिलें अशें गांवांतले लिंगायताचे मुखेली आयजूय सांगतात. चाळीस वर्सांपयलीं ह्या लिंगायतानीं देवूळ परतें आपल्या ताब्यांत घेवपाखातीर झूज मांडिल्लें. पूण आयज त्या देवस्थानाचे मुखेली आशिल्ले तिरुमलेगौडा, तांकां तेंको दिवपी ब्राह्मण, सनातनी लोक, दास - वक्कलिग

आनी हेर विष्णूभक्त - सगळ्यांनी मेळून तितलेच खरसाणेन ताका विरोध केल्लो. तेन्नाचे मारपेटींत दोन मडीं लेगीत पातळिल्लीं. म्हैसूर सरकाराच्या दिवाणाचे - मिर्झासायबाचे पुलीस येवन सुमार शंबर लोकांक बेडयो घालून घेवन गेल्ले. तातुंतल्या धा जाणांक ख्यास्तीय फर्मावन जाल्ल्यो.

हें देवस्थान मूळ शंकराचेंच आशिल्लें हें सिद्ध करपाक गांवचे लिंगायत लोक आनीक एक मुद्दो मांडटात. नेमाप्रमाण पळयल्यार विष्णूचे, भोव करून तिरुपती देवस्थानाचे पुरोयत वैष्णव आसपाक जाय. पूण ह्या देवस्थानांत मात आयजमेरेन स्मार्त पुरोयतच विष्णूची पूजा करीत आयल्यात. ही वर्सांसंख्येची रीत. हे पूजेखातीर पाळेगारान त्या पुरोयताक जमीन दिल्ल्याचो ताम्रपटूय थंय आसा. हें अशें कशें? शैव देवस्थानांत दुसऱ्या देवाची स्थापना केली खरी. पूण रोखडोच शैव पुरोयताक काडून उडयलो आनी वैष्णवाची नेमणूक केली जाल्यार लोकमताचो खूब अनादर केल्लेभशेन जातलो. ह्या राजकारणी विचारांनीच पाळेगारांनी स्मार्त ब्राह्मणाची पूजेखातीर नेमणूक केली. 'शिवाय विष्णूरूपाय शिवरूपाय विष्णवे' म्हणीत शिवरात्र आनी गोकुळाष्टम दोनूय परबो सारकेच उमेदीन मनोवपी स्मार्त लोक कपलाक बिबूत लावन ताचेर चंदनाचो तिबोय लायतात. हाचेवयल्यान तें मूळ शिवाचेंच देवस्थान आसा हाका पुश्टी मेळटा.

हो वाद थंयच सोंपोवन आपलें मत मांडटले गांवांतले वैष्णव समाजांतले लोक म्हणटात, देवस्थान तळ्याचे धडेर आसलें तरी पयलीं तशें नाशिल्लें. वयले वटेन चाळीस मैलांचेर आशिल्लो बांद घालचे पयलीं हांगाच्यान स्वर्णावती न्हंय व्हांवताली. दर्यावरी विशाल बांद घालून उदक आडावन शेता- भाटांत खेळयिल्ल्यान उपरांत हे न्हंयेचो ल्हानसोच व्हाळ जालो. कांय वर्सांनी गांवांलागसारूय बांद घालो. आनी हांगा तळें तयार जालें. मूळ गांव पयलीं देवळाचे सरभोंवतणीच आशिल्लो. बांद घालतकीच मात बांदासकयल गांव आसल्यार त्रास जातलो म्हूण लोकांनी तळ्याचे वयलेवटेन नवो गांव वसयलो. म्हणटकीच गांवाभायर आशिल्ल्या कारणान हें शिवालयूच आसपाक जाय अशें म्हणपांत कांयच अर्थ ना.

उपरांत प्रस्न येता तो चाळीस मैलार वयलेवटेन आशिल्लो बांद खंयच्या सालांत बांदलो? गांवांलागसारचो बांद केन्ना बांदलो? गांवांभोंवतणची तटबंदेची वयली वाट घटमूट आसा. त्याखातीर गांव पयलीं जाला काय शेजरा आशिल्लें तळें पयलीं अस्तित्वांत आयलां असोय प्रस्न उप्रासता. हो तट राजवडेयारांच्या काळांत त्या तेंपावयल्या पाळेगारांनी तिरमलेगौडा हांणी

बांदला अशें शासनूच सांगता. तळेंगांव बांदपाविशीं लोककथा आसा. पूण स्पश्ट उल्लेख आशिल्लें शासन, ताम्रपट वा पत्र असलो कसलोच पुरावो ना. तो बांद खूब वर्सां फाटलो आसप शक्यूच ना. कारण मोटारी - ट्रक वचपाक जातले इतल्या रुंद बांदाच्या वयल्या रस्त्याच्या सुरवातेकूच एक इंग्लीश भाशेची फातराची शिळा बसयल्या. ह्या पयलीं सावन हांगा आशिल्ल्या तिरुमलापूराच्या तळ्याचो एकोणीसशें सोळा सालांत जिर्णोद्धार करून विस्तार केलो. विश्वेश्वरय्यान खासा येवन ह्या गांवाची लांबी-रुंदी- उंची-खोलाय सगळ्यांची तपशीलवार म्हायती मेळयली. तीच दिवपाखातीर ते हांगा आयिल्ले अशें गांवांतले जाण्टे लोक आयजूय सांगतात.

एकंदरीत इतिहासकारांनी संशोधन करपासारको गांव हो. देवळाचे वण्टीक तेंकून आशिल्ल्या व्हडले शिळेचेर कोरांथिल्लो शिळालेख, आजूनय पुरोयताच्या घराकडेन आशिल्लो ताम्रपट, तटबंदीची रचणूक, डॉ. फ्लीट हांणी बरयिल्ल्या 'तुमकूर जिल्ल्याचो इतिहास' ह्या ग्रंथांतल्या तपशीलाचो अभ्यास करून कोणूय ह्या गांवचो इतिहास बरोवंक शकतलो. जर श्रीरंगपट्टण, तलकाड हेसारकेल्या भू-प्रदेशाचो इतिहास बरोवंक जाता जाल्यार ह्या तिरुमलपूराचो इतिहास कित्याक बरोवंक जावचो ना?

आयज ह्या गांवाची लोकवस्त तीन हजारांलागीं आसा. पांचशीं घरां आसात तीं किल्ल्याच्या पावूण भागांत आस्पावल्यांत. उरिल्लो भाग पडंग पडला. आतां बांदावळ एकाद्र्या खेड्यावरी आसली तरी एका काळांत हें बऱ्यांतलें बरें व्हडलें नगर आसुंये. टिपू सुलतानान जो भाग तटबंदीचे चिरे काडून भितर घेतलो, तो भाग आयज लेगीत गांवाचे दावेवटेन तसोच आसा. तो ताचे उपरांतूय सारको केलो ना. आपणे मोडून उडयिल्ल्या भितरल्या भागांत सुलतानान हुकूम दिवन एक व्हडली मशिद बांदून घेतली. मशिदीचे दोन मिनार तटबंदी इतले उंच आसात. एकोणिसशें तेरा सालांत रेसिडेंटसायब हो भाग पळोवपाखातीर आयिल्ले. तेन्ना डॉ. फ्लीट हांणी खासा भोंवडी करून तांकां हांगाचो इतिहास विस्तारान सांगिल्लो. त्याच सुमाराक कोणतरी दोन किरिस्तांव कुटुंबां गांवांत भाजिल्लीं भिकणां विकून कशेभशेन आपलें जिवीत सारतालीं. तांगेल्या धार्मिक विधींच्या गरजांखातीर आनी ताचेपरसूय रेसिडेंट सायबांच्या भेटीची याद म्हूण तटबंदीच्या भायर आयज आशिल्ल्या बसस्टँडाचे मुखावयले उंचायेर एक मंगळुरी नळ्यांनी नटिल्ली इगर्ज उबी रावल्या. ते उपरांत वाड जाल्ल्या किरिस्तांव धर्मियांची कॉलनी थंयच इगर्जेचे फाटलेवटेन आसा.

■




# दोन

## 1

देवस्थानाचे पुरोयत वेंकटरमणय्याच्या घरांत उमेदीचें वातावरण आशिल्लें. तागेल्या चल्याक चलो जाल्लो. आयज ताचो नामकरणाचो सुवाळो आशिल्लो. वेंकटरमणय्यांचो हो एकलोच चलो. ताचे फाटल्यान एक चली. वेंकटेश बारा वर्सांचो आसतना वेंकटरमणय्याची घरकान्न ह्या संवसाराक अंतरिल्ली. तरणाटी पिराय आसून लेगीत ताणें दुसरें लग्न केलें ना. आपल्याक कळटा तितलें संस्कृत आनी भटपण शिकयतासतनाच ताणें वेंकटेशाक कॉलेजींत लेगीत धाडलो. पूण तीन खेपो तो इंटरमिजिएट परिक्षा पास जावंक शकलो ना. शिकून पोटा खातीर नोकरी करपाक जाय अशी काय तांची परिस्थिती नाशिल्ली. देवळाची इनामी जमीन खूब आशिल्ली. सदांच देवाच्या माथ्यार एक फूल घालें जाल्यार इहलोकाचो हुस्को ना आनी परलोकांतूय मुक्ती. तेभायर जाण्टेल्यांकडल्यान मेळिल्ली संपतय आशिल्ली. गरज आशिल्ली ती फकत दोनूय वेळेक कोणेतरी अन्न शिजोवन वाडपाची. वेंकटेशाच्या पसंतीची विठ्ठलापूरांतल्या शानभोगाची जयलक्ष्मी एका बऱ्या म्हुर्ताचेर वेंकटरमणय्याच्या घरांत सून म्हूण आयली आनी तिका पयलो चलोच जालो. रितीप्रमाण पयलींच्या तेंपार पयल्या बाळंटेराक सुनेन कुळारा वचपाचें. पूण तीन म्हयन्या पयलीं जयलक्ष्मीची आजी मरून वायट नक्षत्र लागिल्लें म्हणून चलयेचो बाळंटेर काडपाखातीर जयलक्ष्मीची आवयूच हांगा आयिल्ली.

वेंकटेश इंटरमिजिएट पास जालो ना हाचो अर्थ तो हुशार नाशिल्लो असो न्हय. कांय जाणांनी अशेंय म्हणून दाखयलें, तागेलें लग्न जालें ना म्हूण तो नापास जालो. तागेल्या बापायकूय तातूंत कितेंय तथ्य आसा अशें दिसलें. जावपा आशिल्लें तें जालें. पूण ताका पयलीं खंय पास जावन नोकरी करपाक जाय आशिल्ली? म्हूण वेंकटरमणय्या ओगी रावलो. परिक्षेंत नापास जालो म्हूण तो काय पयशांची उधळपट्टी करप्यांतलो नाशिल्लो. गांवांत येत सावन तर तो देवळांत पुजा करूंक वचनाशिल्लो. तशें पळोवंक गेल्यार पुजेचें तागेलो बापूयच पळयतालो. म्हणटकूच वेंकटेश बापायपरस शेता- भाटाकडेन चड लक्ष

दितालो. सारें - उदक घालून जपानी पद्धतीन ताणें भाताची लागवड केल्ली. तटबंदीचे भायलेवटेन बस-स्टँडामुखार ताणें एक हॉटेल लेगीत घाल्लें. हॉटेल वेंकटेशाच्या नांवार आशिल्लें. घर, मेजां, कदेलां, आयदनां सगळें ताच्याच मालकीचें आशिल्लें. पूण पुराय जापसालदारकी मात ताणें एका उडुपी ब्राह्मणाचेर सोंपयिल्ली. ताणें कितलेय जोडूं, वेंकटेशाक मात दीसपट्टे पंदरा रुपये दिवपाचे अशें थारायिल्लें. तेभायर वेंकटेशाकडेन गांवातली कन्नड दिसाळ्याची एजन्सी आशिल्ली. गांवात जावपी सार्वजनिक समारंभ, मानेस्तां घरांतलीं लग्न कार्यां, गांवातल्या प्रतिश्ठितांचीं मरणां अशें कितेंय घडलें जाल्यार दिसाळ्याखातीर बरोवन धाडपाचें कामूय तोच करतालो. सांगपाचें म्हणल्यार, पंचवीस वर्सांचेरूच भोंवतणच्या पन्नास गांवांत ताणें नामना मेळयिल्ली.

वेंकटेश चड शिकलो ना. पूण तागेली धाकटी भयण मात शिकिल्ली. तें शिकलें म्हूण तातूंत व्हडलेशें अजाप दिसपासारकें कांयच नाशिल्लें. तागेल्या बापायनूच ताका कॉलेजींत धाडिल्लें. हें खरें विशेश. गांवांत हायस्कूल सुरू जावन आठ वर्सां जाल्लीं. पूण चलयांक शिकूंक धाडपाक हेर लोक फाटीं-फुडें सरताले. अशें वातावरण आसतना वेंकटरमणय्यान चलयेक व्हडा धिटायेन कॉलेजींत लेगीत धाडलें. एस्.एस्.एल.सी पयल्या वर्गांत पास जातकूच सत्यभामान कॉलेजींत वचपाचो हट धरलो. आवय नाशिल्ले चलयेक कॉलेजींत धाडटकीच मागीर कितेंय अशें तशें घडल्यार? असो भंय बापायकूय दिसतालो. पूण हायस्कुलांतल्या हेडमास्तरान 'तशें कांयच जावचें ना' अशी खात्री दिली. म्हैसूरांतल्या चलयांच्या हॉस्टेलांत रावन सत्यभामा प्रत्येक परिक्षेंत पयल्या वर्गांत पास जायत गेलें. इंटरमिजिएट जातकूच ऑनर्स पुराय करून तें एम.ए. पास जालें. पंदरा दिसापयलीं एम.ए. चो निकाल आयलो आनी अपेक्षेप्रमाण ताका पयलो वर्गय मेळ्ळो.

एम.ए. जाल्ले आपले चलयेखातीर चलो सोदपाची आनी ते पातळेवयल्या लोकांकडेन उलोवपाची, वागपाची पद्धत वेंकटरमणय्याक कशी कळटली? वेंकटेश तसो हुशार आसलो तरी शारांत वचून भयणीइतलें वा ताचेपरस चड शिकिल्ल्या चल्यावांगडा मेकळेपणान वागप ताका शक्य नाशिल्लें. तेखातीर हें काम वेंकटरमणय्यान मेलगिरीगौडाच्या हातांत सोंपयिल्लें. गांवातलो तट उबारिल्ले पाळेगाराचे वंशज आशिल्लो मेलगिरीगौडा मूळचो ह्याच गांवचो. मद्रासांत बी.एल्. पास जातकूच तुमकूरांत वकिली करतनाच स्वदेशी

चळवळींत भाग घेवन साबरमती आश्रमांत गांधीवांगडा रावन आयिल्लो. आतां म्हैसूर दरबारांत मंत्री आशिल्लो. तो वेंकटरमणय्यापरस चार-पांच वर्सांनी व्हड.

ताणें उतर लेगीत दिल्लें 'तुगेले चलयेक चलो सोदपाक व्हडलीशी तकालस घेवची पडची ना. म्हगेल्या हाताखाला काम करतल्या खंयच्याय गॅझेटेड अधिकाऱ्याकडेन उतर घाल्यार पुरो. तो तें करून दितलो. उपरांत जाय जाल्यार सत्यभामाकूय नोकरी मेळोवन दितां. घोव-बायल भरपूर पगार घेवन सुशेगाद रावतलीं.'

लग्न जातकूच लेगीत सत्यभामा नोकरी करतलेंच हें सगळ्याक खबर आशिल्लें. सत्याची धिटाय विपरीत आशिल्ली. तागेले विचार भंय दिसपासारके आशिल्ले. कॉलेजींत वचपी सगळ्योच चलयो काय अशो आसनात. हें वेंकटरमणय्याक खबर आशिल्लें. तो विचार करतालो 'आवय नाशिल्ल्यो चलयो अशोच चल्यांभाशेन जातात काय कोण जाणा! योग्य ब्राह्मण चल्याच्या हातांत हात दिवन माथ्यार अक्षता उडयल्यो काय ना, जालें. हांव सुट्टलों एकदांचो. उपरांत तें आनी तागेलो घोव कितेंय करूंदी आनी खंयूय जेवंदी.'

एम.ए. चो निकाल कळटकीच कॉलेजींत लेक्चरराच्या नोकरेखातीर अर्ज दिवंक जाय अशें सांगून तें म्हैसूराक गेल्लें. 'नोकरी मेळ्ळी ना. संशोधन विद्यार्थ्यांखातीर आशिल्ल्या विद्या-वेतनाखातीर अर्ज घाला. गांवात येवपाक आठ दीस लागतले' अशेंय सत्यान पत्रांतल्यान कळीत केल्लें. ताचे उपरांत फाटल्या आठ-धा दिसांत तागेलें पत्रूच येवंनाशिल्लें. भावाक चलो जाला हें कळटकीच लेगीत सत्यान बरयलेंना. ताका म्हजें पत्र मेळ्ळां काय कोण जाणा! तें म्हैसूरांत तरी आसा व्हय? चार दिसां पयलीं हायस्कुलांतल्या मास्तर वृषभेंद्र स्वामीन सत्याक बेंगळूरांतल्या सिटी बशीन वतना पळयिल्लें खंय. तें तांणी वेंकटेशाक येवन सांगलें. 'बेंगळूरा कित्याक गेलां आसतलें? खरें म्हणल्यार बारशाच्या दिसा सत्या घराकडेन आसपाक जाय आशिल्लें.' म्हूण बापूय ताची याद काडटालो.

## 2

व्हडलें आंगण आनी भितरले पडवेर इतलेंच न्हय, मुखार रावपी कुप्पण्णय्यंगाराच्या वारांदार लेगीत पानां वाडिल्लीं. गांवातले वैष्णव आनी श्रीवैष्णवांच्या घरांतलीं जाण्टीं मनशां सोडून पुराय गांव जेवणाक आयिल्लो. वेंकटेश अभिमानी नायकाच्या भेसांत म्हणपाक लागलो, 'तसो वेळ खूब

जाला पूण तुमी सुशेगाद जेवात.' अशीं उपचारिकपणाचीं उतरां सांगून जेवणाच्या पंगतींतल्यान भोंवत्तना खांद्यावयली रूंद देगेची शाल परती परती सारकी करतालो. शालींतल्यान दाव्या खांद्यावयल्यान जानवें हुमकळटालें तें दिश्टी पडटालें. दाव्या हातांतली भांगरा पट्याची घडयाळ आनी बोटांतली मुदी सगळ्यांचे नदरेंत भरताली. केंस वळोवंक नाशिल्ल्यान ते कपलाचेर आयिल्ले.

रोस, कुंवाळ्याची ताकांतली हुळी, सारान कालयिल्लें शीत पोटांत वतकूच खबरांक सुरवात जाली. रोसान कालयिल्ल्या शिताचो भुरको मारून कुप्पण्णय्यंगार तृप्त जावन म्हणूंक लागलो, 'व्वा! हुळी सारकी आमगेल्या लोकांभाशेन जाल्या.'

'आमीय ट्रेड सिक्रेटाचो सोद लायला म्हणपाचो!' वेंकटेशान तांगेल्या तोखणायेचो स्विकार केलो.

अय्यंगाराची हुळी, माध्व ब्राह्मणांचो दाळीचो रोस, स्मार्तांची ताका कडी (मज्जिगे हुळी) सामकी फामाद. 'पूण कुंवाळो खंय मेळ्ळो तुमकां? हालींसरा हेर लोकूय कुंवाळो खावंक लागल्यात न्हय' अशें म्हणीत तांणी समाजाची वाट लागत चल्ल्या हाचेर आपल्या उलोवपाचो ओघ वळयलो.

'आनीक एके फावटी बायलेच्या गळ्यांतलें मंगळसूत्र विकपाचो प्रसंग येसर खावंदी तांकां. कितले दीस मिरयतले?' अशें फातरांनी बांदिल्ल्या घरांत रावपी शामण्णान म्हणलें.

'कितलोय झेत मारलो तरी भांगर तें भांगर आनी लोखण तें लोखण. दोगांकूय हावेंच शिकयलां. सांगता तें आयकात.' अशें अयशीं वर्सां हुपून गेल्लो हो जाण्टो मास्तर आपल्यो यादी सांगूंक लागलो.

'आमगेलो वेंकटरमणय्या मेलगिरीगौडापरस चार वर्सांनी ल्हान. वेंकटरमणय्या पांच वर्सांचो आनी मेलगिरीगौडा णव. दोगूय म्हगेलेच शाळेंत शिकताले. हांवें लाखांनी येत्न केले पूण त्या गौडाक 'गरूड' हो शब्द कसोच उच्चारूंक जालो ना. हजार फावटी सांगल्यार लेगीत तो 'गल्ड'च म्हणटालो.'

'स्वर, उदात्त, अनुदात्तासयत वेद म्हणपी तागेली जीब. त्या शूद्राच्या तोंडांत 'गरूड' हो संस्कृत शब्द कसो येतलो?' अशें हायस्कुलांतलो कन्नड पंडित कृष्णप्पान म्हणलें.

'पूण कितेंय जावं. आतां तांगेलेच दीस आयल्यात हें मात खरें. ते वकील जाले. आतां मंत्रीय जाल्यात. सगळीं सरकारी कामां तांच्याच हातांत. स्पश्ट 'गरूड' म्हणपाचें सोडलें जाल्यार आमगेल्या हातांत आसा तरी कितें?' अशें

तुमकूरांतले कॉलेजींत इंटरमेरेन शिकूनय बेकार आनी निर्शेल्ल्या नागराजान विचाल्लें.

'मंत्री जावपाच्यो गजाली आसूं. वेंचणुकेंत सगळे लगाटी मारताशिल्ले. थंय निमणें आमगेलेंच तंत्र जाय' अशा उतरांनी वेंकटेशाच्या एजन्सीचीं दिसाळीं घराघरांनीं वांटपी सुब्बरायान आपलें म्हत्व सांगतकीच वेंकटेशान ताचेकडेन उमेदीन पळयलें.

फकत ह्या स्मार्त चल्याच्या कर्तुबाचेर मेलगिरीगौडा वेंचून आयलो अशें म्हणलें म्हूण तिरूनारायण अय्यंगाराक नसाय जाली. म्हूण ताणें म्हणलें, 'कुप्पण्णय्यंगारान वेंचणुकेंत काम करूंक नाशिल्लें जाल्यार...' अशें उलयतां उलयतां तो मदींच रावलो. ताका सट् करून आपूण आतां पुळियोगरे खातां तें एका स्मार्ताच्या घरांत हाची याद जाली आनी आपलीं उतरां बदलून ताणें परतें म्हणलें, '... आमच्या कुप्पण्णय्यंगार आनी वेंकटेशान वेंचणुकेंत डावपेंच लडयले नाशिल्ले जाल्यार हो शूद्र कसो जिखता आशिल्लो?' स्मार्त वैष्णव एकतेचो उच्चार आयकून खांब्यापलतडीन बशिल्ल्या एकल्यान मदींच तोंड घालें, 'आमी त्रिमतस्थ एक जाले जाल्यारूच जगप शक्य आसा.'

'हं! एक जातात खंय! हीं नालायक मनशां' अशें शेजराच बशिल्ल्या राघवेंद्रान सट्ट करून म्हणलें.

सव्वीस वर्सांच्या माध्व समाजांतल्या राघवेंद्राचो आपल्या घराचे फाटलेवटेन चाळींत रावतल्या अप्पण्णय्यंगारांच्या श्रीदेवीचेर मोग आशिल्लो. घरच्यांकडल्यान कितलोय विरोध आसल्यार लेगीत हांव तुजेवांगडा पळून वचपाक तयार आसां म्हणपाचें श्रीदेवीनूय चीट बरोवन कळीत केल्लें. पूण एस्.एस्.एल्.सी मेरेन शिकिल्ल्या राघवेंद्राक दुसऱ्या गांवांत नोकरी कशी मेळटली? ताका पळोवन व्हरून कितें करतलों? राघवेंद्राचो बापूय भीमसेनरायान निश्टून सांगिल्लें. परजातींतले चलयेकडेन लग्न जालो जाल्यार एक एकर जमीन लेगीत मेळची ना म्हूण. तेखातीर ह्या तरणाट्याचें मनोधैर्य खचून गेल्लें. तो राग उक्तावपाखातीर ताणें हे संदीचो उपेग करून घेतलो. तागेलो बापूय लेगीत ह्या स्मार्तागेर जेवपाक येवंक नाशिल्लो.

वेंकटरमणय्या मुखावयल्या कुप्पण्णय्यंगाराच्या वारांदार जेवणाक बशिल्ले पंगतीकडेन लक्ष दीत आशिल्लो. 'ताचें नशीब बरें. चल्याकूय पयलो चलोच जालो' अशे तरेच्यो थंय गजाली चलिल्ल्यो. जेवणाक कोण कोण येवन गेले. कोण येवपाचे आसात हाची वेंकटरमणय्या चवकशी करतालो. आजूनमेरेन पोस्टमास्तर नारणय्या येवंक नाशिल्लो. दोन वरांचेर बशीन टपाल धाडलेबगर

ताका घरांतल्यान भायर सरपाक मेळना. पूण आतां सवाय दोन जालीं तरी कित्याक आयलो ना? दुसरे पंगतींत बसपाक पडटलें. हो विचार चलतासतनाच नारणय्या थंय पावलो. हातांत एक लखाटो आशिल्लो.

वेंकटरमणय्यान तो लखाटो हातांत घेतलो. पत्तो पळतकूच ताका सत्यभामाच्या अक्षराची वळख पटली. 'खरें म्हणल्यार, सत्यानूच हांगा येवंक जाय आशिल्लें. कित्याक आयलें ना म्हूण कोण जाणा! आनी हें वयल्यान पत्र बरयलां' अशें म्हणून विचार करतां करतां ताणें लखाटो फोडलो. सत्यान पयल्याच परिच्छेदांत बेंगळूरांतल्या देशी कॉलेजींत लेक्चरराची नोकरी मेळिल्ल्याचें कळीत केल्लें. तें वाचून एकेवटेन ताका बरें दिसलें. पूण तेचवांगडा हाका नोकरेची कसली गरज ह्या विचारान ताका चिटमिटे पडले. दुसरो परिच्छेद वाचतना मात ताचें मन अस्वस्थ जालें. आनी पत्र वाचून ताका पुराय गजालीचो खुलासो जालो. सत्यभामान आपूण राजकारणी मेलगिरीगौडाच्या चल्याकडेन लग्न जातलें हें कळीत करून आशिर्वादाची अपेक्षा केल्ली.

जाचो विचार लेगीत करप शक्य ना अशी करणी चलयेन करून दाखोवपाचो निश्चेव केल्लो. हाचेर विस्वास दवरप ताका कांय खीण अशक्य दिसूंक लागलें. पूण चलयेच्या सभावाची पुराय कल्पना आशिल्ल्यान हें अनिश्ट खऱ्यांनीच घडटलें हें तागेल्या अंतर्मनान सांगलें. ताका गिरगिरिल्ल्यावरी जावंक लागलें. भोंवतणी ब्राह्मण जेवतात तांचेर पडचो न्हय म्हूण तो सादुरकायेन पावलां घालीत भायर आयलो. थंय हात धुवपाखातीर दवरिल्ल्या उदकाच्या व्हडल्या भाणाकडेन वचून बसलो. दोळ्यांमुखार काळोख येवपाक लागलो तरीय तसोच बसून रावलो. मात्सो साबुद्दीर येतकीच तो उठलो आनी आपल्या घराकडेन वचपाक घुंवलो. थंय तिसरेफावटी हुळी-शीत वाडटाले. फाटोफाट लाडवाचींय ताटां येतालीं. वेंकटेश पंगतींतल्या मानेस्तांक आग्रो करतालो.

'वेंकटेश, हांगा यो पळोवया' अशें म्हणून तो ताका फाटलेवटेन घेवन गेलो. ताच्या चेहऱ्यावयले भाव पळोवन वेंकटेश कुळकुळ्ळो. तो ताच्या फाटोफाट फाटलेवटेन आशिल्ले खोपींत गेलो. वेंकटरमणय्यान तें पत्र वेंकटेशाच्या हातांत दिलें. तो तें पत्र वाचूंक लागलो.

'जाती-पंथाविशींचे म्हजे विचार तुमकां खबरूच आसात. तुमी आनी गांवातले लोक हाका अनिती म्हणटले. पूण हो सामको नितीपूर्ण निश्चेव. हाचेर म्हजो दृढ विस्वास आसा. स्वता लग्न करून दिवपाक तुमकां शक्य नाजाल्यार थंयच्यानूच आशिर्वाद धाडात.' अशें सत्यान बरयिल्लें.

तिडकीन सणसणत वेंकटरमणय्यान म्हणलें, 'बेंगळूरांत वच आनी त्या चुतड्याक चार खोंटो मारून भरभरीत ओडून घेवन यो. आतांच भायर सर.'

वेंकटेश पत्र मुखार वाचतालो, 'असले गजालीचो गांवांत चार दीस बोवाळ जातलो. मागीर लोक आपसूकच थंड पडटले. तेमेरेन तुमकां जाय जाल्यार हांव गांवांत येवचें ना. तुमी आनी दादा बेंगळूराक आयले जाल्यार आमगेली कांयच हरकत ना -'

'कित्याक वाचता तें पत्र? तीन वरांचेर बेंगळूरांत वचपाची बस आसा. वच आनी तागेले हात-पांय बांदून भरभरीत ओडून घेवन यो. एकाद्रो ब्राह्मणाचो चलो पळोवन तीन दिसांभितर सत्याच्या माथ्यार अक्षता उडोवन मेकळे जावंया.'

'पत्रांत बरयलां तेप्रमाण, हाचो अर्थ म्हाका गांवांत येवपाक भंय दिसता असो निखालस न्हय. लाख लोकांनी म्हजेमुखार उबे रावन बोटां दाखयलीं जाल्यार लेगीत म्हजो म्हजेर पुराय विस्वास आसा. हो म्हजो स्वताचो निर्णय.'

'बशीचो वेळ जालो. बेगीन भायर सर आतां -' अशें म्हणून चल्याच्या हातांतलें पत्र हिसकावन घेतलें.

'अप्पा, आतां तुमी समजिकायेन वागले नात जाल्यार आमची अब्रू वतली-'

'तेचखातीर हें चेडी जल्माक आयलां. तूं म्हाका सांगता, शांततायेन वाग म्हूण?' अशें म्हणीत वेंकटरमणय्यान खोंपीच्या आड्यांतली एक बडी नेटान ओडून काडली.

चलयेवयलो राग आपल्याचेर काडीत म्हूण भंयान वेंकटेशान समजूत घालपाच्या सुरांत म्हणलें, 'अप्पा, दोन घरां भरून ब्राह्मण जेवंक बसल्यात. आमी आतां कितेंय उलयले जाल्यार ही गजाल सगळ्यांक कळटली. जरी हांव आतां बेंगळूरांत वचून सत्याचें मनपरिवर्तन घडोवन, ताका घेवन आयल्यार लेगीत गांवांत आमची अब्रू उरची ना. उपरांत तागेलें लग्न थारावंक लेगीत आडमेळी येतल्यो. म्हूण सांगता हांव. कांयच विपरीत घडलें ना अशेंच दाखोवन दिवपाक जाय.'

'हें चेडी अशें करतलें म्हूण बरयता आनी हांवें कशें थंडसाणेन रावपाचें?' अशें म्हणटना तागेल्या आवाजांत तिडक दिसून येताली. आनी तागेले दोळे दुकांनी भरिल्ले. 'आवय नाशिल्लें चली म्हूण हांवूच तागेली आवय जालों आनी हें मात...' अशें म्हणून वेंकटरमणय्या घळघळीत रडपाक लागलो.

भितर पुळियोगरे आनी लाडू वाडटाले. जेवण जेवपी लोक आतां एका फाटोफाट श्लोक म्हणटाले. 'शिवान मर्त्यलोकांत तीन दोळ्यांचो नाल्ल धाडलो' अशे श्लोक व्हडल्यान म्हणपाक सुरवात केल्ले ते सोसलगेरेचे सुब्बराय म्हूण थंयच्यानूच कळटालें.

वेंकटेशान विचार करून सांगलें, 'अप्पा, अशे परिस्थितींत तुमकां कांयच घडलेंना अशें दाखोवन दिवपाक जावचें ना. तुमी मोन्यांनी देवळांत वचात. हांवें सांगलेबगर ताचो खंयच उल्लेख करूं नाकात. तिरुमलदेवाचो सोपूत आसा तुमकां. आतां हें पत्र म्हजेकडेन आसूं दी.' अशें म्हणत ताणें तागेल्या फाटीवयल्यान हात भोंवडावन फाटल्या दारांतल्यान ताका भायर धाडलो. देवळाची चावी चोविसूय वरां तागेल्याच किरवंटीक हुमकळटाली.

## 3

जेवणाचे पंगतींत एका फाटोफाट एक श्लोक म्हणटाले. सगळ्यांच्या पानांचेर कालयिल्लो शीत-रोस (पुळियोगरे) हेवटेन तेवटेन फाफसून पडिल्लो. कांय जाणांनी अर्दे लाडू खावन तशेच पानार सांडिल्ले. भाज्यो, हुळी हेर जिनसूय पानांच्या कोनशाक बसून आपलेभशेन मुसांक आकर्शीत करताले. वेंकटेश एकफावट मुखावयल्या वारांदार वचून थंयचे पंगतीची वासपूस करून आयलो. ताणें वाडप्यांक ताक-शीत वाडपाची सुचोवणी केल्ली.

वारांदार हांतुळिल्ल्या व्हडल्या जमखानाचेर बसून पान-सुपारी खातना कांय जाणांनी वेंकटरमणय्याची चवकशी केली, 'यजमान खंय आसात?' वेंकटेशान म्हणलें, 'भाटांत कोणतरी नाल्ल चोरपाक आयल्यात म्हूण थंय पासय मारून येवपाखातीर गेल्यात.'

'पळयात, आपापसांत उलोवणीं करून फकत ब्राह्मणाच्या भाटांतच चोरी करतात. तांगेल्या भाटांतलो आनी शेतांतलो मात एक कण लेगीत हालना. केन्नाच एक फळ ना जायना.' स्वताचो वेवसाय करपी नागप्पा आपलें सुख - दुख्ख सांगूक लागलो.

वेंकटेश भितर आयलो. आंगणातलीं पानां काडपाक लायलीं. शेणा लोळो काडपाक लायलो. ताणें परतीं पानां वाडपाक लायलीं. रांदपी, वाडपी आनी पयले पंगतींत बसपाक कळाव जाल्ल्या सगळ्यांच्या जेवणाची वेवस्था करपाक लायली. तो स्वताच वाडपाक उबो रावलो. 'हांव बापाय वांगडा जेवतलों.' अशें सांगून ताणें सगळ्यांची जेवणां सोंपयलीं. तांकां विडो दिवन निरोप

दितकीच तो भितर आयलो. आतां फकत तो, तागेलो बापूय आनी मांय हांचींच जेवणां जावचीं आशिल्लीं. मांय, वेय आनी जांवय जेवण जेवलेबगर जेवची ना हें खबर आशिल्ल्यान वेंकटेश बापायक आपोवपाखातीर देवळाकडेन गेलो. वेंकटरमणय्या देवळाचें दार काडून भितरल्या एका खांब्याक तेंकून विचार करीत बशिल्लो.

'अप्पा, चल जेवन घेवया. घराकडेन यो. वाटेर जावं भायर कोणाकडेनूय हो विशय काडूं नाकात. भाटांत चोरी जाल्या काय म्हूण पळोवपाखातीर गेल्यात अशें तांकां सांगलां. कोणेय विचारलें जाल्यार तुवेंय तशेंच सांगपाक जाय.'

'लिपयल्यार तें लिपता? सत्यभामा कशेंय जाल्यार लग्न जातलेंच. पादपाक वेळ जालो म्हूण घाण येवपाकूय वेळ लागता?'

'हांव बेंगळूराक वचून ताचेकडेन उलोवन येतां. ओगी राव.'

'तागेलो सभाव तुका खबर ना? ती घोडी कशी.'

'तें घोडयेभशेन आसा. ही घोडी कशीय नाचली जाल्यार त्या गाडवांनी ताका मान्य करून घेतल्यारूच न्हय?' अशें वेंकटेशान म्हणलें.

'इतलीं वर्सां जालीं, तुका अक्कल आयली ना हें खरें. तो कित्याक न्हयकार दितलो? ब्राह्मणाचे चलयेकडेन लग्न जावन आमगेले जातीक अपमानीत करपाची संद ते ब्राह्मणद्वेशी सोडटले? हांव आनी तो वांगडाच शिकिल्ले. ताची लायकी म्हाका खबर आसा. तातूंत हें आपूण जावन नाचत गेलां जाल्यार ही संद तो कित्याक सोडटलो?'

'अप्पा, जर घोडो बळजबरेन घुसपाक सोदता जाल्यार लेगीत गाढवां आपल्या कळपांत घुसपाक दिवचीं नात. तुमकां दिसता तितली सोपी गजाल न्हय ही. आतां तूं जेवपाक यो. विचार करून वाट सोदून काडटां.' अशें म्हणून वेंकटेशान बापायक हाताक धरून उठयलो आनी घरा कडेन घेवन आयलो.

चल्यान सांगिल्ले प्रमाण वेंकटरमणय्या कांयच उलयनासतना ओगी रावलो. पूण कितेंतरी विपरीत घडून गेल्ल्याचें मुखामळावेल्यान स्पश्ट दिसून येतालें.

बापायक आनी चल्याक वाडटकीच दोगूय मोन्यांनी आपल्याच विचारांत मग्न जावन जेवले. हो विशय तांकां दोगांक सोडून आनीक कोणाक खबर नाशिल्लो. जेवण सोंपसर वेंकटेश एका विचाराचेर येवन पाविल्लो. 'पळयात, आतां रातीची आरती, अक्षता बायलांच्या वांट्याक वतात. आमचें कांयच काम ना न्हय?' अशें मांयक विचारलें. तिणें 'हय' म्हणलें. बायल शेजारचे

कुडींत आपल्या भुरग्यावांगडा न्हिदिल्ली. तिका गाड न्हीद लागिल्लेवरी दिसताली. वेंकटेश कोठये कुडींत गेलो आनी धा लाडू, धा पूरणपोळ्यो एका आयदनांत घालून तीं एका कपड्यांत बांदलीं. रांदचेकुडींत आयलो. ताणें एका सुपारी दवरपाच्या आयदनांत सुमार तीन पाव तांदळाचो शीत-रोस घालून तेंवूय पांटल्यांत घालें. ताचेर एक निवळ कपडो धांपलो. आंगार शर्ट चडयलो पायांत जोतीं घालीं हातांत पांटलो घेवन तो पटेल तिरुमलेगौडाच्या घराकडेन गेलो.

## 4

मंत्री मेलगिरीगौडाचो बापूय पटेल तिरुमलेगौडा ह्याच गांवात रावतालो. बेंगळूरात रावपी चलो मंत्री गांवांत येवन बापायची वासपूस करून वतालो. जाण्टेल्या पटेलाच्या धाकट्या भावाचो चलो आनी तागेली बायल गांवांतल्या वाड्यांत रावन शेत-भाट पळयतालीं आनी पटेलाच्या जेवणा-खाणाकडेन लक्ष दितालीं.

फकत तिरुमलेगौडालें घर म्हणल्यार त्या गावांत कोणाकूच सारकें कळनाशिल्लें. कोटेमने म्हणल्यार कळटालें. 'मेलीनमने' (वयलें घर) म्हूणय वळखताले. कांयजाण 'अरमने' (राजवाडो) म्हूणय वळखताले. पाळेगार म्हूण भोंवतणच्या शंबर गांवांचेर राज्य करपी आनी गांवांत किल्लो बांदपी घराण्याकडेन हांचो सरळ संबंद आसा. त्या काळांत बांदिल्लें घर आतां त्या जाग्यार नासलें तरी आतां थंय आशिल्लें घर काय तितलें ल्हान नाशिल्लें. भरपूर पैसो-आटको, धान्य, गायो, बैल, म्हशी, घोडे-गाडयो, भात-नाचण्यान गच्च भरिल्लो गुदांव, नाल्लांच्यो राशी. पयलींसावन आयज लेगीत राजवाड्यावरीच आसा. फकत सिंहासनच फाल्त. पूण तिरुमलेगौडाचो चलो मेलगिरीगौडा बेंगळूरांत सिंहासनाचेर बसला न्हय.

ल्हान वयांतूच राजवैभवांत जल्मल्ल्या पटेलान पंचक्रोशींतल्या खेड्यांत न्याय-दान करून पटेलकी पटकायिल्ली. आनी आतां तोच पटेल जाण्टेपणांत अध्यात्माकडेन वळपाक लागिल्लो. हालींसरा तर शेत, भाट, नाल्ल, सुपारी हाचेकडेन लक्ष दिवपाचें सोडून तो दिसांतलो चडांतचड वेळ देवपूजेंत सारतालो. वाड्यांतली एक कूड ताणें देवघराखातीर केल्ली. चारूय वण्टींचेर सगळ्या देवदेवतांचे फोटे, वण्टीक तेंकनासतना मदींच दवरिल्लो उंच चंदनाचो देवारो, तातूंत बशिल्ली रुप्याची श्रीनिवासाची मूर्त, देवाऱ्यामुखार आशिल्ली

रुप्याची फुलां परडी, हळद-कुकमाचे करण, देवपुजेवेळार बसपाक रूंद पाट, पाटाचेर कृष्णाजीन, जनेलाच्या दारांक रंगीत कांचो, तेखातीर पुराय देवघरांत रंगीत उजवाड पडटालो. तेभायर चंदनाच्या देवाऱ्याभितर चोवीसूय वरां जळपी रत्नाभशेन ल्हान शून्य कँडलपॉवराचो विजे दिवो आनी शुद्ध तुपाच्यो अखंड पेटपी दोन रुप्याच्यो व्हड दिवल्यो.

पटेल देवघरा शेजराच आशिल्ले कुडींत रावतालो. दोन-तीन पिळग्यां पयलीं राजशय्येभशेन तयार केल्ले एके व्हडले बाजयेर एक गादी पातळायिल्ली आसताली. पूण हालींसरा तो ते कापसाचे गादयेचेर पयलीं भशेन न्हिदना. ताचेर एकामेकांक जोडिल्लीं चार कृष्णाजिनां पातळावन मागीर तो बसता. नाजाल्यार ताचेर न्हिदता. पांगुरपाक सदांच भश्ट नाशिल्ली काश्मिरी शाल आसताली. बाजयेच्या कोनशाक जपाची माळ हुमकळावपाखातीर वेवस्था केल्ली. पुरो जातकीच बाजयेर पातळायिल्ल्या कृष्णाजिनाचेर न्हिदून जितलो वेळ शक्य आसा तितलो वेळ देवाचें नांव घेवन जपमाळेंतले मणी घुंवडायतालो. सुमार धा फावटीं तरी ती एकशें आठ मण्यांची माळ घुंवडायलेबगर तो माळ सकयल दवरिनाशिल्लो.

तिरुमल देवळाचो कारभार पळोवपाचो अधिकारूय ह्याच घराण्याकडेन आसा. जेप्रमाण हो गांव, देवूळ, गांवाभोंवतणची तटबंदी हाचेविशीं कोणेतरी संशोधन करपाक जाय तशेंच ह्या घराण्यांतल्या सेर्त कोणाच्या काळांत देवळाचो सगळो अधिकार कोणाच्या हातांत आयलो हाचेंय संशोधन जावंक जाय. पूण एक मात खरें, ह्या घराण्यान देवस्थानाक जाय तितलो पयसो उखलून दिल्लो. पूण ह्या देवस्थानाचो एक आणो लेगीत केन्नाच खालो ना.

फुडल्या दारांत व्हाणो काडून दोन चौक आनी दोन आंगणां हुपून उजव्या हातांत खाणांचें पाटलें घेवन वेंकटेश पटेलाच्या कुडींत आयलो. तेन्ना तो बाजयेर बशिल्लो. हातांत जपाची माळ नाशिल्ली.

'यो, यो, बस. आयज बारसो ज़ालो खंय. कितें नांव दवरलां?' अशें म्हूण वेंकटेशाक येवकार दिलो.

'श्रीनिवास नांव दवरपाक अप्पान सांगलें. ताचेंच दुसरें रुप म्हूण 'वासू' दवरलां.'

'सगळें एकूच. देव एक पूण नांवां खूब, बस.' अशें म्हणून ताणें जमनीर हातळायिल्ल्या शेंदरेचेर नदर वळयली.

हातातलें पाटलें पळयत वेंकटेशान विचाल्लें, 'हें खंय दवरूं? हातूंत कांय इबाडपाचे जिनस आसात म्हूण म्हणलें.'

'कितें आसा तातूंत?'

'लाडू, नाल्लाची पूरणपोळी आनी इल्लोसो पुळियोगरे (शीतरोस).'

'तुमी सगळ्यांनी जेवन जातकीच म्हाका हाडून दिलां!'

पटेलाक कितें म्हणपाचें आसा हें वेंकटेशाच्या लक्षांत आयलें. ताची जाप तयारूच आशिल्ली. वेंकटेशान म्हणलें, देवाक निवेद्य दाखोवचे पयलीं हें पाटल्यांत काडून दवरिल्लें. पयलींच हाडून दिताशिल्लों. पूण कामाच्या व्यापाक लागून येवंक मेळ्ळें ना.

'आसूं दी! दवर थंय वण्टीकडेन. तुवें इतले अपुरबायेन हाडून दिलां. बारसो म्हणल्यार शुभकार्य. ना म्हणप न्हय. पूण हांव तें खावचो ना. आरे उबो कित्याक? बस सकयल.'

वेंकटेशान जमनीर घाल्ले शेंदरेचेर बसून विचारलें, 'कित्याक, भलायकी बरी ना?'

'तशें कांय ना. भलायकी बरी आसा. पूण एकफावट पुजा-पाठ आनी वर्त धरलां म्हणटकीच दुसऱ्यान शिजयिल्लें अन्न खावचें न्हय. हय काय ना?'

व्रता बदला 'वर्त' हो उच्चार आयकतना वेंकटेशाक हासूंक आयलें. पूण तो हांसलो ना. ह्या जाण्ट्या पटेलाचे उच्चार सारके जायनात हें कितें खबर नाशिल्ली गजाल न्हय. दास-वक्कलिग, धनगर, नायक, गंवडी, पागी ह्या जातींतल्या लोकांगेर जाण्टो पटेल उदकलेगीत घेना हें ताका खबर आशिल्लें. पूण ब्राह्मणागेर मात जेवतालो. तातूंत तांगेल्या घराण्याच्या पुरोयताचें घराणें आमगेलें. आयजमेरेन हे पटेल देवळांतल्यान धाडिल्ल्या प्रसादाचो व्हडा भक्तीभावान स्विकार करताले. पूण आयजूच हो 'दुसऱ्यान शिजयिल्लें' अशें कित्याक म्हणटा, हाचेफाटलो हेत जाणून घेवपाचे नदरेन वेंकटेशान म्हणलें, 'पूण हें अन्न तर ब्राह्मणाच्या घरांतलें.'

'ब्राह्मण म्हणल्यार कोण? आमगेल्या देवळाचे पुरोयत. तांणी शिजयिल्लें अन्न देवाचो प्रसाद म्हूण खावंक कांयच हरकत ना. नाजाल्यार तेंय भश्टच.' अशें व्हडल्या पटेलान म्हणलें.

हें तागेलें उलोवप वेंकटेशाक मात लेगीत आवडलें ना. पूण इतलेच गजालीखातीर तिडकून आपल्या कामांची वाट लावन घेवपाचो ताचो सभाव नाशिल्लो. इतले दीस जाण्टो पटेल खूब तरेन स्वताक ब्राह्मणांचे बरोबरीचो मानतालो. आतां ब्राह्मणांपरस्पूय आपूण वयर आसां अशें दाखोवंक सोदतालो. हें वेंकटेशाच्याय लक्षांत आयिल्लें. असले तरेचो विचार आपसूकच तागेल्या तकलेंत येवचो ना हें वेंकटेशाक बेसबरें खबर आशिल्लें. म्हूण ताणें म्हणलें,

'जण एकल्याचो श्रद्धेचो प्रश्न आसा हो. तातूंत तुमी वयान व्हडले. तुमी जितलें देवाधर्माचें करतात तितलें आमी लेगीत करनात.' ह्या उतरांनी पटेलाक खोस जाली आनी ताणें म्हणलें, 'तुवें इतलें घराकडेन हाडलें. हावें खालें नाजाल्यार कितें जालें? भुरगीं खातलीं. ये निंगव्वा, सडसडीत यो हांगा.'

तागेल्या उल्याक तागेल्या धाकट्या भावाची सून आयली. 'हें घेवन वच. तुमी खायात. हांव खावंचो ना.' अशें म्हूण ताणें पाटलें दाखयलें. सुमार चाळीस वर्सांची ती बायल पाटलें घेवन गेली.

वेंकटेशान विचाल्लें 'पंदरा दिसांपयलीं तुमी बेंगळूराक वचून आयल्यात खंय. थंय धर्म, वेदान्त ह्या विशायांचेर कोणाकडेन भासाभास जाल्या? मनीस खंयूय गेल्यार आपल्या आवडीच्या विशयाचेर विचार करता, उलयता. तातूंत वेदान्त सोडलो जाल्यार तुमकां आनीक ह्या प्रपंचातलें कांयच नाका.'

'सामकें खरें. आतां पयरूच हांव बेंगळूराक गेल्लों तेन्नाची गजाल. थंय एक काशींतलो जमीनदार आयिल्लो. आमचेच म्हणल्यार गौडा न्हय, कितेंतरी वेगळेंच म्हणटात -' अशें मात्शें याद करून म्हणूंक लागलो 'हां. ठाकूर खंय. व्हडले जमीनदार, दोन हजार एकर जमनीचे धनी ते. थंयच्या काँग्रेस पक्षांतले. म्हज्या चल्याकडेन तांची बरी वळख आसा खंय. हांगाचो गांव पळोवपाखातीर म्हूण बायल-भुरग्यांवांगडा आयिल्ले. आमगेर देंविल्ले. दादल्यांची गजाल विंगड. एकफावटीं राजकारणांत पावल दवरलें काय ना, खंयूय जेवचें पडटा. पूण तागेली बायल मात स्वताच रांदप करून जेवली. ब्राह्मण रांदपी हाडून रांदप करून घेवया म्हणल्यार लेगीत तिणें न्हयकार दिलो.'

'म्हणल्यार त्या भागांत ब्राह्मणाचें स्थान जमीनदारापरस सकयलें?' अशें वेंकटेशान म्हणलें.

'हय, ठाकूरानींच सांगलें, बायलो, अनवाळें पाळपी ब्राह्मणानीं आफुडिल्लें उदक लेगीत पियेनात खंय! थंय ब्राह्मण फकत पुजा करपाकूच आसता खंय.'

'प्रत्येक भागाची एकेक पद्धत! आनीक कितें म्हणलें तांणी?'

'सांगता आयक! तुका घराकडेन वचपाची ताकतिक ना न्हय?'

'रातीच्यो आरत्यो-त्रिरत्यो कितेंय आसल्यार तें बायलांचें काम. तें पळोवपाक मांय आसा. सांगात. तुमच्या सारकेले वेदान्ताचे विचार मांडपी ह्या गांवात आनीक आसा तरी कोण?'

गौडा व्हडा उमेदीन उलोवंक लागलो : 'वेद, वेदान्त सगळें ब्राह्मणांनी केलें ना खंय. म्हाका लेगीत सगळ्यो गजाली खबर आशिल्ल्यो. पूण ताचो अर्थ कळनाशिल्लो. पयलींच्या काळांत जनक महाराजा नांवाचो क्षत्रिय म्हान

वेद-विद्या पंडित आशिल्लो खंय! आमी ज्या राम-कृष्ण ह्या देवांची पुजा करतात ते सगळे क्षत्रियूच न्हय? एकूण कितें ब्रह्मविद्या क्षत्रियानींच ब्राह्मणांक शिकयिल्ली. देवांकलेगीत जेन्ना अवतार घेवचोसो दिसलो, तेन्ना तो क्षत्रियच म्हूण भूलोकांत येतालो.'

'तशें जाल्यार परशुराम ब्राह्मण न्हय तर? आनी वराहावतार, मत्स्यावतार हांकां कितें क्षत्रिय म्हणपाचें?'

'ये, वेंकटेशा अशें कितें विचारता? परशुरामाची कोण पुजा करतात? दुकराची नुस्त्याची कोण पुजा करतात? पुजा करून घेवपाक क्षत्रियूच योग्य. पुजा करपाचें काम फकत ब्राह्मणाचें.'

ह्या उतराक रोखडीच जाप दिवपाक वेंकटेशाक जमलेंना. तो सांगतालो तातुंतली एक वळ लेगीत फट नाशिल्ली. कारण पुराणांतल्यो कथा हेंच सांगताल्यो. तातुंतल्या सामाजिक आशयाचो फेरविचार करून पळोवपा इतलो ताचो पुराणांचो अभ्यास जावंक नाशिल्लो. म्हूण तो येवजीत ओगी बसलो.

पटेलान मुखार म्हणलें, 'तुगेले जातीक हावें अशें म्हणलें म्हणून तूं रागार जावं नाका.'

'खरो विशय तसोच आसा जाल्यार तातूंत राग कसलो? जर ते म्हणटात तेप्रमाण सत मानलें जाल्यार, क्षत्रिय ब्राह्मणापरस श्रेश्ट जाले ना. आतां आमगेल्या म्हैसूरांत क्षत्रिय म्हूण कोण आसात? म्हैसूरांत अरस म्हूण आसात. पूण ते मूळचे क्षत्रिय काय हालींसरा जाल्यात कोण जाणा!'

'पळय, तुवें विचाल्लें तें बरें जालें. त्या ठाकूरांनी सांगलें तेप्रमाण, मुळांत कोणूच क्षत्रिय अशे नाशिल्ले खंय. जे राज्य करताले तांकांच ब्राह्मणांनी क्षत्रिय म्हणपाक सुरवात केली. उपरांत राज्य करपी ब्राह्मणानींच राजा, राजपूत, क्षत्रिय अशीं नांवां दिलीं. वेदांनी सांगलां खंय तशें. जो राज्य करता तोच राजा. तोच क्षत्रिय खंय. हय काय ना?'

जाचो अदमास घेवपाखातीर वेंकटेश थंय आयिल्लो ताचेविशीं वेंकटेशाक कांयच समजलें ना. पूण खंयतरी एक नवो उजवाड, प्रचंड शक्तीवांगडा दिश्टी पडटालो. हे कुडींत पावल दवरतसावन प्रत्येक घडणूक आनी उलोवण्यांतूय हो उजवाड स्पश्ट जाणवतालो. हाचें सत्व आपले अंतरशक्तीक दुबळी करता असो ताका भास जालो. आपूण कितें उलयतां हाचो पुराय अर्थ पटेलाकूय कळनाशिल्लो. देवभक्ती, आचार, सोवळें-ओवळें हाचें प्रस्थ हालींसरा हिसपाभायर वाडलां आनी ताणें ब्राह्मणाचें चड अनवाळेपणाचें रूप धारण केलां. वेंकटेशान नदर पटेलाचेर भोंवडायली आनी मनांत म्हणलें,





वयामानानुसार बागवलो तरी घसघशीत उंच बांदो. केंस नाशिल्ल्यान चकचकपी माथें, धव्यो मिशो, अयशीं वर्सांच्या मिरयांनी भरिल्लें रूंद कपाळ, कानांत चकचकपी भांगराचीं दाट कुंडलां. उजव्या मनगटाभोंवतणी करंगळीइतले दाटायेचो भांगराचो वाळो. रेशमी पुडवें आनी खांद्यारूय रेशमी शाल, गळ्यांत भांगराचे सरयेंत गुंथिल्ली तुळशीची माळ. जानवें ना. कपलाचेर बिबुतीचे हयन्हयशे पट्टे.

कितेंतरी याद करीत पटेलान म्हणलें, 'ठाकूरांनी आमगेलो धंदो विचारलो. हावें घराणें पटेलांचें म्हूण सांगलें. तेन्ना तांणी म्हणलें, पती म्हणल्यार यजमान वा राजा. हाचेवयल्यान पटेल हो शब्द आयला खंय!' वेंकटेशाच्या मनांत परती हार खाल्ल्याचो अणभव आयलो. ताणें हांसत म्हणलें, 'पळयलें, आप-आपले पदवेचो अर्थ आमकांच खबर आसना!'

'तुमी कशे उलयले ठाकूरांकडेन?' वेंकटेशान विचारलें.

'हांव जप करीत बशिल्लों. ते हिंदुस्थानींतल्यान उलयताले. हावें सायबांच्या भाशेंत जाप दिली. जमता तशें उलयलों. इतल्यांत म्हजो चलो मेलगिरी थंय आयलो. जें म्हाका कळनाशिल्लें तें तो कन्नडांतल्यान सांगतालो.'

'आनीक कसली खबर आसा बेंगळूरांतली?'

'आनी कितें आसतलें? अशींच आतऱ्या पयऱ्यान असेंब्लीचीं मनशां येतात वतात. कितलेंय जालेंतरी राज-दर्प हो विंगडूच आसता न्हय?'

'तुमगेल्या नातवान अकस्मात एके ब्राह्मण चलयेकडेन लग्न केलें जाल्यार तुमी ताचो स्विकार करतले?' अशें विचारनशें दिसलें. पूण आपणें स्वता तशें विचारप न्हय हेंय वेंकटेशाच्या लक्षांत आयलें. सत्यान इतल्या स्पश्ट शब्दांत बरयलां जाल्यार श्रीनिवासानय घराकडेन सांगलां आसतलें. ताचेउपरांत ह्या जाणटेल्या मेरेन ही खबर पावतली. आतां आपूण कितेंय उलयलों जाल्यार आपूणय तातूंत सामील आसां, अशें त्या म्हाताऱ्याक दिसतलें. हो विचार मनांत येतकीच तो ओगी रावलो.

इतल्यांत निंगव्वा दाराकडेन उबी रावन म्हणूंक लागली, 'उदक तापलां न्हावपाक वचात -'

'आतां ह्या वेळार न्हाण?' वेंकटेशान विचारलें.

'आतां दिसांतल्यान तीन फावटी अनवाळें न्हेसतां. नाजाल्यार मनाक बरें दिसना. सूर्य उदेवपाच्या वेळार, तो माथ्यार येतकीच, अस्ताक वतना हून उदकान न्हावन पूजेक बसल्यार मनाक बरें दिसता.' अशें म्हूण तो उठलो. तो

उठ्ठकीच वेंकटेशूय दोन चौक आनी दोन आंगणां हुपून, भायल्या व्हडल्या दाराकडेन आशिल्ल्यो व्हाणो पांयांत घालून घराकडेन परतलो.

## 5

रातीकडेन आरती आनी घरांतली गर्दी कमी जातकीच बापायन विचारलें 'जेवण जातकीच खंय गेल्लो?'

'पटेलागेर.'

'कितें तरी काम करून आयला?'

'हावें कांयच केलें ना. पूण हें लग्न जावचें ना.'

'कित्यावयल्यान म्हणटा तूं?'

'ते ब्राह्मणापरस श्रेश्ठ जाल्यात. आमगेले चलयेक आपणावन घेवचे नात.'

'त्या जाण्टेल्याचें अनवाळेंपण हांव वीस वर्सां जालीं पळयत आयलां. तागेलें व्हडपण तर हांव म्हज्या जल्मासावन पळयतां. ताणें मान्यताय दिली ना जाल्यार लेगीत तीं रजिस्टर लग्न जातलीं. बेंगळूरांतूच लग्न जावन आयल्यार कोण आडावंक शकतलो?'

हीवूय एक म्हत्वाची गजाल. वेंकटेशान हाचो विचारूच करूंक नाशिल्लो. अप्पान म्हणलें, 'ह्या जाणटेल्याचें सोडून दी. त्या मेलगिरीची बुद्द कशी चलता ती तुका खबर ना? आमी दोगूय वांगडाच शिकल्यात. तो ब्राह्मणांचो दुस्वास करपी. आमचे जातीचो अपमान करपाक जाय जाल्यार तो हें लग्न लावन दितलोच.'

'तो हें करचो ना' अशें वेंकटेशान म्हणलें.

'तुका खबर आसा ताची लायकी?' म्हणटना ताचो आवाज चडिल्लो. पूण भितर सून आनी तिगेली आवय आसा हाची जाणविकाय जातकूच आवाज कमी करून ताणें म्हणलें, 'देड दमडेच्या काळेगौडा वकिलाक मेलगिरीगौडा सांगतालो - 'हांवें बेंगळूरांत खंयच्च्या तरी ब्राह्मण बायलेक दवरून घेतल्या. आता तांगेले जातीची श्रेश्ठता कितें उरली? तांगेले जातीची बायल म्हजी रखेल आसा.''

'ती कोण म्हूण आसा?'

'तागेल्या ऑफिसांत टायप बडयता खंय.'

कोणतरी आदार नाशिल्ली वा विधवा आसतली. पगार वाडयता म्हूण तिका आस दाखोवन दवरल्या. हेच गजालीक काळेगौडान रखेलीचें रूप दिलां आसतलें. तरीकूय सांगतां, तो हें लग्न जावंक दिवचोना.'

'तांचे ताणींच रजिस्ट्रेशन केल्यार कितें करतलो?'

वेंकटेशान मात्सो वेळ विचार करून म्हणलें. 'घरातलें भांगर कसाक लावन पळयलेबगर शेटीक वायट उतरां दिवचीं न्हय. फाल्यां सकाळीं हांवूच बेंगळूराक वचून ताका समजावूं?'

'दोन कानसुलार मारून ताका भरभरीत ओडून घेवन यो.'

'बरें.' अशी वेंकटेशान जाप दिली. इतलो वेळ व्हडल्यान उलोवणीं जातालीं तें लक्षांत येतकीच भितर बायलेक आनी मांयक कळ्ळें आसतलें अशें समजून ताणें भितर वचून सगळी गजाल त्या दोगांयच्या कानार घाली आनी ताकीद दिली, 'आमी कशेंय करून हें लग्न जावंक दिवचे नात. तो मेरेन तुमी खंयच तोंड उक्तें केलें जाल्यार खबरदार.'

चल्यान आग्रो करून लेगीत अप्पान एक धंया-शीताची उंडी खाली ना. दोगांयनी चौकेर हांतूण घालें आनी न्हिदले. अप्पा आपले आपूणच कितें तरी बडबडटालो मदींच एकेक फावटी 'हें रांडूल जल्माक आयिल्लें तें तेन्नाच मेल्यार बरें आशिल्लें. आवय नाशिल्लें भुरगें म्हूण वेंगेत घेवन ल्हानाचें व्हड केलें' हें सगळें म्हणटालो तें सगळें वेंकटेशाक आयकूंक येतालें.

वेंकटेशूय विचारांत गुल्ल आशिल्लो. हांव फाल्यां सकाळीं बशीन वतलों. पूण तें म्हगेलें आयकतलें? आपल्या मनाप्रमाण जावंक जाय. ल्हानपणासावन हटी. आवय नाशिल्लें आनी वयल्यान चली म्हूण, अप्पाच तें सांगता तसो नाचलो. तशें केलें नाशिल्लें जाल्यार तागेलो असो हट वाडत वचचो नाशिल्लो. चलयांचे जातीक कसलो आयला हट? तो चल्यांक आसपाचो. ताका कॉलेजींत धाडूंनाका अशें हांवें म्हणलें. तेन्ना कितलें रागार जालें तें. 'हो इंटरमिजियेट नापास जालो आनी हांव वचून पास जाल्यार आपलो अपमान जातलो म्हूण तो तशें म्हणटा अप्पा' अशें सत्यान म्हणलें. अप्पान निमाणें तागेलेंच आयकलें. हांव बेंगळूराक गेल्यार तातूंत कितें चुकलें अशें म्हणटलें. पत्रांत बरयिल्लें ताचेंच विवरण करून सांगतलें. एम.ए च्या वर्गांत प्रोफेसरांनी दिल्ल्यो नोटस् घेवन जाती-पंथ कुळां कशीं कशीं जल्माक आयलीं, हांचेर लॅक्चर दितलें. ताचेभशेन शिक्षण घेतिल्लें जाल्यार वाद घालपाक जातालो. दंडं दशगुणं भवेत्. हाचेर व्हाणांनी दोन लायल्यार बरीं. जाग्यार येतलें. अप्पा करता तोच न्याय. पूण हांवें मारल्यार तें ओगी रावतलें? असो विचार फांतोडमेरेन

करून करून तो एका निर्णयाचेर येवन पावलो. अप्पाकय न्हीद येवंक नाशिल्ली. तो हेवटेन-तेवटेन कूस परतीत आशिल्लो. वेंकटेशान अप्पाक विचाल्लें, 'तुमी जागे आसात?'

'हं.' अप्पान म्हणलें.

'ताचेकडेन वाद घालून आमी जिखूंक शकचे नात.'

'कित्याक? तूं व्हाणो घालून वचचोना?' अप्पान विचारलें.

'पूण हांवें तशें करप सारकें जावचें ना. तें म्हाका म्हणटलें तूं कोण? ते परस सकाळफुडें तुमीच बेंगळूराक वचून येयात.'

'मूर्ख चेडयेच्या' अशें म्हूण ताणें ताका गाळ घाली. पूण धा मिणटांनीं म्हणलें, 'तूं म्हणटा तें खरें. हांवूच वचून येतां.' कांय वेळान, 'तूंय म्हजेवांगडा यो' अशें अप्पान म्हणलें.

'दोगूय गेल्यार देवाची पुजा?'

'आयज, फाल्यां पुजा कर अशें रंगण्णांगेरच्या नागराजाक सांगून वचुंया.'

'नाका. तुमी एकलेच वचून येयात.'

'मूर्ख चलो तूं. हांवूच वतां.'

कांयवेळान कोंब्यान साद घालो. वेंकटेशाचे मांयन नागम्मान रातीं न्हिदतना भाणासकयल लाकूड दवरिल्लें. तेखातीर रान्नीचेर दवरिल्लें भाणांतलें उदक आनी ताचेर दवरिल्लें घागरींतलें उदकूय खतखतीत तापिल्लें. सैमीक विधीक वचून येतकीच वेंकटरमणय्या न्हालो आनी संध्या करपाक बसलो. मन अस्वस्थ आशिल्ल्यान तीनच आचमनान ताणें संध्या सोंपयली. वेण खाण करपाखातीर भितर गेली. खाण नाका म्हूण सांगून वेंकटरमणय्यान कपडे घाले. खांद्यार उपरणी घेतली आनी हातांत सत्री घेवन तो घरांतल्यान भायर सरलो. वेंकटेशान एके पिशवेंत शाल, एक पुडवें आनी एक तुवालो घडी करून घालून पिशवी ताच्या हातांत दिली.

तिपटूरच्यान ह्या मार्गान बेंगळूराक वचपी पयली बस सकाळीं साडेस वरांचेर येता. तीच धरपाची अशें ताणें थारायिल्लें. वेंकटेश अप्पावांगडा स्टँडार आयिल्लो. स्टँडाच्या मुखारूच तागेलें हॉटेल. हे बशींत चडशी गर्दी नाशिल्ल्यान हॉटेलांत तितली गर्दी नाशिल्ली. ताका बसस्टँडार येवन सुमार धा मिणटां जाल्लीं. इतल्यांत हरिजन समाजाचो बेट्टय्या थंय आयलो. खादीचें पुडवें, खादीचो नेहरू शर्ट, गांधी तोपी घालून, हातांत एक खादीची पिशवी धरिल्ली. काळो वर्ण, मध्यम उंचायेचो बेट्टय्या अप्पापरस स-सात वर्सांनी व्हड आशिल्लो. स्वातंत्र्याची चळवळ चलतना साबरमती आश्रमांत महात्मा गांधीवांगडा स

वर्सां रावन आयिल्लो. आतां तो राखीव जाग्यांतल्यान वेंचणूक लडोवन असेंब्लीचो वांगडी जाल्लो. इतले बेगीन स्टँडार आयला ताचेवयल्यान तो बेंगळूराक वचपाक आयला हें कोणाकूय कळपासारकेंच.

वेंकटेशान विचारलें, 'कितें, एम.एल.ए. बेंगळूराक वतात?'

'हय. तुमीय येतात?'

'हांव येना. अप्पा येतात.'

बेट्टय्यान वेंकटरमणय्याक नमळायेन नमस्कार केलो. बस येतकूच वेंकटरमणय्या पयलीं चडलो. ताचे फाटल्यान पांच वळी सोडून बेट्टय्या बसलो.

'रातचे बशीन परतो यो' - अशें वेंकटेशान अप्पाक सांगलें. बेट्टय्या स्वता असेंब्लीचो वांगडी जावन लेगीत, ब्राह्मण तेभायर देवस्थानाचे पुरोयत वेंकटरमणय्याच्या म्हऱ्यांत बसनाशिल्लो. एकेक फावटी बसस्टँडार बशीची वाट पळोवपाक पडल्यार तो वेंकटेशाच्या हॉटेलांतल्यान कॉफी हाडपाखातीर निरोप धाडटालो. तो स्वता हॉटेलांत वचनाशिल्लो.

हेर हरिजनांक तांगेल्या आयदनांत वयल्यान कॉफी ओतपाची पद्धत आशिल्ली पूण एम्.एल्.ए. बेट्टय्याक मात कांचेच्या ग्लासांत कॉफी धाडून दिताले. ब्राह्मण चल्याकडल्यान न्हय तर क्लिनराकडल्यान, इतलेंच. ताणें कॉफी पितकीच धुवपाचें काम लेगीत तागेलेंच. तेखातीर तो आमटाणेचें उदक वापरतालो काय पंचगव्य वापरतालो कोण जाणा.

अप्पांची बेंगळूराक वचपाची ही पयली फावट नाशिल्ली. पूण केंपेगौडा रस्तो, चिक्कपेटे, मल्लेश्वर आनी आमगेले मंत्रीमहोदय मेलगिरीगौडांचो सरकारी बंगलो आशिल्लो हायग्राउंड्स इतल्याच गांवाची ताका म्हायती आशिल्ली. पूण ह्या सत्याचें दळदिरें देशी कॉलेज खंय आसा म्हूण कोण जाणा! हे फावटी मेलगिरीच्या घराकडेन वचपाक जायना. सगळे एकमेकांक सामील आसतना थंय आपणें वचून कित्याक त्रासांत पडपाचें? निमाणें ताणें चलयेकूच वचून मेळपाचें थारायलें. चली परकी जाली. हांव आतां एकलो पडलों ही भावना ताच्या मनांत घर करून राविल्ली. बायल मरतकीच आयिल्लो शून्यभाव आतां लेगीत ताका व्यापून राविल्लो. सत्यान सांगात सोडलो जाल्यार आपूण एकलों पडलों. वेंकटेश आसून नाशिल्लेवरी. पयलींसावन वेंकटरमणय्याक वेंकटेशाच्या मोगांत सुवार्थाचो वास जाणवतालो. तेखातीर ताणें आपलो सगळो मोग चलयेचेरूच केल्लो. तें आतां असलें काम करपाक भायर सरलां.

जाती-पंथ फटीचे कशे म्हणपाचे? हो प्रस्न ताका काय नवो नाशिल्लो. ताचो संस्कृताचो बरोच अभ्यास जाल्लो. उपनिषद, गीतेचेर ताचें अध्ययन जाल्लें. 'चातुर्वर्ण्यं मया सृष्टं' अशें सांगलां, तें फट म्हणपाचें? गेल्ले सुटयेंत सत्या गांवात आयिल्लें तेन्ना 'भगवद्गीता मनशानूच बरयिल्ली देवान न्हय' हाचेर ताणेंच वाद घाल्लो. मुखार आपूण अशें करतलें म्हूण पयलींच मनांत येवजून दवरिल्लें? भितरले भितर येवजण करप हो तर वेंकटेशाचो सभाव. पूण हो सभाव सत्याकूय आसा? 'हय' म्हणपाक तागेलें मन तयार जालें ना. आनी तें मान्य करून घेतल्यार मनाक खूब त्रास जातालो. इतल्यांत एडेयूरू गांव आयलो आनी बस रावली. कांय लोक चडले. कांय़ लोक देंवले. बस परती वचपाक लागली. वाटेर कोणेय हात दाखयल्यार रावताली. इतले म्हणसर कुणिगल आयलें. हांगा बस पंदरा मिणटां तरी रावता. बशींतले बरेच प्रवासी सकयल देंवन शेजरा हॉटेलांत गेले. बेट्टय्यालेगीत हॉटेलांत वता तें दिश्टी पडलें.

बेट्टय्या गांवातल्या हॉटेलांत वचना. पूण हेर गांवांनी मात नीट भितर वतालो. अप्पाक याद जाली, हॉटेलांत म्हारां-मांगांक घेतले ना जाल्यार सरकार हॉटेलवाल्यांचेर केस घालता खंय. आतां देवळांत घेवंक जाय म्हणटात थंय हॉटेलाचें कितें? खऱ्यांनीच खंयचे खंय पावला काळ! ह्या विचारान कांय खीण चलयेचो विचारूय ताच्या मनांतलो फाटीं सरलो. धा मिणटांनी बेट्टय्या हॉटेलांतल्यान भायर आयलो. अप्पाच्या जनेलाकडेन येवन चार हात पयस रावन बेट्टय्यान विचाल्लें, 'एक-दोन संत्रां घेतात?'

'कांय नाका बाबा' ताणें म्हणलें. तरीकूय बेट्टय्या ओगी रावलो ना. मुखावयल्या फळांच्या दुकानांत वचून दर विचारून पयशे दिल्ले तें अप्पान पळयलें. आतां हाडून दिल्लीं फळां हांवें कशीं खावपाचीं? फळांक तशें कांय भश्ट नासता. पूण ताणें दितना हात लागलो जाल्यार कितें करपाचें? ताका पोटांतले भूकेची जाणविकाय जाताली. पयल्या दिसा एक घांस अन्न पोटांत गेल्लें तितलेंच. रातीं पोटांत कांयच घालें ना. सकाळींय खालें ना. आतां हाका आफुडलो जाल्यार बेंगळूरांत वचून न्हालेबगर कांयच खावंक मेळचेंना. तो विचारांत बुडिल्लो आसतना दुकानदारानूच आपल्या बशिल्ल्या जाग्यावयल्यान उठून जनेलाकडेन येवन फळां दिवन गेलो. पट्यापट्यांची लुंगी गुटलायिल्ली. तागेले लुंगेवयल्यान तो मुसलमान म्हूण कळ्ळो.

वेंकटरमणय्या म्हणूंक लागलो, 'बेट्टय्याचो सभाव खऱ्यांनीच बरो. असेंम्ब्लीचो वांगडी जालो म्हूण गर्व ना. सरकारान ह्या म्हारां-मांगां खातीर नळ्याचीं घरां बांदून दिल्यांत. थंय बेट्टय्याचें मादिगकेरेंत व्हडलें घर आसा.

ताका जमीनूय मेळ्ळ्या. पांचशीं कवाथे लायल्यात. उपरांत दोन वर्सांनी ताका नाल्ल लागले जाल्यार तो साठ-सत्तर हजारांचो म्हालवज जातलो. असेंम्ब्लीचो पगारूय. इतलें आसून ताका गर्व ना. आपले जातीची मर्यादा पाळूनच वागता तो. पूण तागेलो चलो अहंकारी. कॉलेजींत बी.ए. शिकून नापास जाला. त्या दिसा हॉटेलांत भितर सरलो. वयल्यान कायदो सांगपाक लागलो. हांवें कित्याक भितर येवचें न्हय म्हूण वाद घालो खंय. वयल्या घरांतले काळेगौडा कॉफी पिवपाक बशिल्ले खंय. ते थंयच्यान उठले आनी ताचेर एक थापट फुलयलें. उपरांत मान सकयल घालून थंयच्यान उठून गेलो. कॉलेज शिकतकीच हे सगळे अहंकार मनांत येतात. बेट्टय्या कितलोय जालो तरी फाटले पिळगेंतलो. कॉलेज पळोवंक नाशिल्लो.

बस कुणिगलच्यान मुखार वचपाक लागली तरी वेंकटरमणय्याच्या मनांतले बेट्टय्याविशींचे विचार चालूच आशिल्ले. हातांत आशिल्ल्यांतलीं चार केळीं आनी तीन संत्रां सोलून पोटांत घालीं आनी साली जनेलांतल्यान भायर उडयल्यो. उरिल्लीं फळां हातांत आशिल्ले पिशवेंत घालीं. तितले म्हणसर नेलमंगल आयलें. हांगाय पंदरा मिणटां बस रावता. कितलेशेच लोक सकयल देंवन फातराच्या बांकड्यांर बसून भिकणां विकतीं घेवन खावंक लागले. बेट्टय्या देंवलो. वेंकटरमणय्या लेगीत देंवलो आनी पयसुल्ल्यानूच बेट्टय्यांक विचारलें, 'देशी कॉलेज खंय आसा ती खबर आसा?'

'बेंगळूरांत बसवन गुडींत.'

'हांव तेवटेन केन्नाच पावलों ना. म्हजेवांगडा येवन म्हाका मात्शें दाखय.' वेंकटरमणय्यान म्हणलें.

'दाखयतां - थंय कसलें काम आसा तुमकां?'

'अशेंच' - म्हणल्यार खरें कारण सांगलें ना. बेट्टय्यान आनी मुखार कांयच विचारलें ना. पूण वेंकटरमणय्याक मनांतल्या मनांत खाल्लेवरी जावंक लागलें. बेट्टय्याविशीं मनांत विस्वासूय तयार जालो. आदल्या दिसा दनपारसावन अंतर्मनांत जावपी कलकल कमी जावपाखातीर हो मनीस सामको योग्य अशें दिसून ताणें सदऱ्याच्या भितरल्या बोल्सांत हात घालून काल आयिल्लें पत्र काडलें आनी आपल्या मुखार आशिल्ल्या फातराच्या बांकड्याचेर उत्तें करून दवरलें 'हें आतां वाच. तुका कळटलें. मरचे पयलीं हाचो सोक्ष-मोक्ष लावपाक जाय.'

तें पत्र वाचतकूच बेट्टय्याचें तोंड देंवलें. आनी ताणें म्हणलें, 'पळयात, काळ कसो बदलत वता तो.'

'सत्याक मेळपाक वतां. तूंय चल आनी सांग ताका. हें चूक. हो अधर्म. हे चेडयेक तूं सारकेंच समजावन सांग.'

'बरें हांव सांगतां.'

इतल्यांत बस-ड्रायव्हर स्टियरिंगाम्हऱ्यांत बसलो. सकयल देंविल्ले सगळे लोक बेगबेगीन येवन आपल्या जाग्यार बसले.

बेट्टय्या एम.एल.ए. घराकडेन वचनासतना पयलींच देंवलो. कॉलेजमेरेन रिक्षेंत वचपाचें म्हणल्यार एके रिक्षेंतल्यान वचप शक्य नाशिल्लें. तो इतल्या म्हऱ्यांत बसचो नाशिल्लो. टॅक्सींत आपणें मुखार बसून फाटल्यान ताका बसयलो जाल्यार म्हऱ्यांतच बशिल्लेवरी जातलें अशें येवजून दोन रिक्षा करून एका फाटल्यान एक व्हरपाक लायल्यो.

कॉलेजीकडेन पावतकीच वेंकटरमणय्या गेटीकडेन उबो रावलो. बेट्टय्या स्वता भितर गेलो आनी धा मिणटांनी सत्यभामाक भायर घेवन आयलो. बापायक पळयतकूच तागेलो चेहरो देंवलो. पूण भायल्यान तोंडाचेर हांसो हाडपाचो येत्न करतालें. सत्याक बेट्टय्यांक सामकें तेंकून येता तें पळोवन वेंकटरमणय्यान मान सकयल घाली. म्हऱ्यांत येवन सत्यान विचारलें, 'अप्पा, तुमी आतांच आयल्यात?' अप्पा कांयच उलयलो ना. निमाणें तें कुडींत येयात अशें म्हणत मुखार चलूंक लागलें. बेट्टय्यान आपलें पावल फाटीं काडलें आनी म्हणलें, 'तशें जाल्यार हांव आतां वचूं?' 'येयात, तुमीय म्हजो रुम पळोवन वचात' अशें सत्यान म्हणलें. पूण थंय आडनदर करून बेट्टय्यान अप्पाक म्हणलें, 'तुमी मुखार वचात. हांव वतां म्हज्या कामाक.'

'तुका पयलींच सांगूं नाशिल्लें? तूंय चल.' वेंकटरमणय्यान म्हणलें.

कॉलेजीसावन सुमार दोन फर्लांगाचेर एके गल्लींत पयले माळयेचेर तागेली कूड आशिल्ली. वयर चडपाक फाटलेवटेन माळी आशिल्ली. भितर एक खाट, मेज, दोन कदेलां, एक हांतुणाचो कवळो आनी मेजकेच कपडे सोडले जाल्यार कांयच सामान नाशिल्लें. बेट्टय्या भितर गेलो ना. दारांतूच रावलो. वत-वारें लागनाशिल्लेवरी एकाच जाग्यार उबो रावलो. कुडीभितर पावल दवरतनाच वेंकटरमणय्यान खाटीर पत्र शेंवटून उडोवन म्हणलें, 'उलय! कितें बरयलां हें!' तें कांयच उलयलें ना. ताका तोंड दाखयनासतना सत्यान आपली नदर दुसरेवटेन वळयली. अप्पान आवाज वाडोवन म्हणलें, 'उलय, हें कितें बरयलां!'

अप्पा, ल्हव उलयात ल्हव. शारांत घरां सगळीं तेंकून आसतात. हांगा ह्या मजल्यार आनीक एक कुटुंब रावता.'

'तुवें केल्ल्या ह्या कर्माक आनी मर्याद दवरल्या? नालायक, रांड-' म्हणत ताणें दाराकडेन काडून दवरिल्ल्या व्हाणांतली एक व्हाण घेतली आनी पोल्यार, कपलार, हातार, फाटीर, भुजार व्हाण वयर काडून काडून मारपाक लागलो. भायर उबो राविल्ल्या बेट्टय्याक कितें करचें तें कळ्ळें ना. भितर वचून ताका सोडोवपाचो विचार मनांत आयलो, पूण हांवें भितर वचूंक जायना, तांकां आफडूंक जायना म्हूण दारांतल्यानूच तकली भितर घालून बेट्टय्यान म्हणलें, 'महाशय, शांततायेन उलयात, शांत जायात. तुमी अहिंसा पाळूंक जाय. व्हाणांक तुमी स्पर्श लेगीत करपाक जायना.' तरीकूय ते परते परते मारीत आशिल्ले. 'तूं ओगी राव सायबा, चार व्हाणो पडले बगर तें बुद्द शिकचें ना.' अशें म्हणत आनीक नेटान ताका मारपाक हात उखल्लो. सत्यान मात लेगीत विरोध केलो ना. आपूण हे ख्यास्तीक पात्र आसां म्हूण मान सकयल घालून उबें रावलें. 'उलय' - अशी ताणें आड्डी माल्ली तरीय सत्यान एक उतर काडलें ना. तागेलें पोल्क, साडयेचो पदर रक्ताळिल्लो. मोन्यांनी दारांत उबो रावन ताका मारता तें पळोवंक जायनाशिल्ल्यान भितर येवंक सोदपी बेट्टय्याचेरूय तो आड्डलो आनी दुसरीय व्हाण काडून ताका दोनूय हातांनी मारूंक लागलो. तागेले कपडे आनीकूय रक्ताळ्ळे.

इतल्यांत वयर बिराडाक रावपी बायल धांवन आयली. बेट्टय्यान म्हणलें, 'अम्मा, भितर वचून ताका सोडोवन घेयात.' इतल्यांत त्याच खिणाक अप्पा अचकीत घुंवळ येवन सकयल पडलो. जुस्त बेट्टय्यान ताका पळयलो. तागेल्या माराक फाट करून राविल्ल्या सत्यभामाक हातुंतलें कांयच कळ्ळें ना. निमाणें बेट्टय्यानूच म्हणलें, 'अप्पा, घुंवळ येवन पडल्यात, पळय बाय.' तशें म्हणटकीच सत्यान फाटल्यान वळून पळयलें. जीव गेल्ल्या मड्यावरी तो पडिल्लो. दोनूय पांय दोन कडेन पसरिल्ले. उजवो हात बाजयेपोंदा गेल्लो. चेहरो घामेल्लो, पोले, मान, गळो सगळे कडल्यान घामाच्यो पांवळ्यो पडटाल्यो. कपडेय घामान सामके भिजिल्ले.

'माथ्यार मात्शें उदक मारात, वारोय घालात.' अशें बेट्टय्यान म्हणलें. जनेलांत दवरिल्ल्या कांचेच्या जगांतलें उदक घेवन सत्यान बेगबेगीन तांच्या माथ्यार मारलें. मेजावयलो पुठ्ठो घेवन बेगबेगीन वारो घालो. शेजराची बायल तांचो बोवाळ आयकून धांवन आयली, 'कोण हो, हात मोडून वचूंदी पाडपडिल्ल्याचे, कितलें मारलें तांणी तुका! आंगभर कशें रगत आयलां पळय.' अशें तिणें म्हणलें.

'म्हजो बापूय तो. रागान तशें तांणी केलें. तिडकीवादळ सभाव तांचो. तुमी घरा वचात.' सत्यभामान थंडसाणेन जाप दिली. शेजान्नीक ताणें अपमान केल्लेवरी दिसलो आनी ती सटसटीत थंयच्यान गेली.

'बेट्टय्या, धांवन वचून खंयच्यानूय दोतोराक घेवन येयात.' सत्यान सांगलें.

'एक-दोन मिणटां रावात. आनी एक फावटीं उदक मारूंया.' सत्यान तशेंच केलें. ताच्या म्हऱ्यांत बसून तकली सवकासायेन उखलून आपले मांडयेर घेतली. उपरांत सत्यान बेट्टय्यांक म्हणलें, 'अप्पा, न्हातले जायजाल्यार. पूण आतां तुमी भितर येयात. वारें घालात.' तांणी भितर येवन बसून ताका वारें घालें. दोनूच मिणटांत तो साबुद्दीर आयलो. दोळे उक्ते करतकीच ताची नदर बेट्टय्याचेर गेली. ताका वळख पटचे पयलींच बेट्टय्यान म्हणलें, 'स्वामी, हांव काय तुमकां आफुडलों ना. फकत वारो घाला. सामके सुद्दीर येतकीच तुमी न्हावन घेयात.' ताणें तशें म्हणटकीच - 'हांव खंय आसां?' अशें ल्हव आवाजांत ताणें विचारलें.

'तुमगेले चलयेचे मांडयेर न्हिदल्यात. तशेच न्हिदून रावात.'

कांयवेळान ताका सामकें बरें दिसूंक लागलें. घडिल्लें सगळें याद जावंक लागलें. दोगांयनी नाका म्हणल्यार लेगीत तो उठून उबो रावलो. फाटल्यान वळून ताणें सत्याभामाक पळयलें, तें सकयल मान घालून बशिल्लें. फाट दिश्टी पडनाशिल्ली पूण सत्याच्या हातांचेर, खांद्याचेर पडिल्लीं रगताचीं काळीं खतां तागेले नदरेक पडलीं. धवें पोल्क हाता-खांद्याच्या घायांचेर दसून बशिल्लें.

अप्पा उठलो आनी तागेली फाटूय पळयली. रगतान भरिल्लें पोल्क आतां काळी पट्टी बांदिल्लेवरी दिसतालें. पुराय पोल्कच रुंद बँडेजीवरी दिसतालें. अप्पान म्हणलें, 'चल, खंयच्यातरी दोतोरागेर वचुंया.'

'खंयच नाका, इल्लिशी बोरीक पावडर मारल्यार बरें दिसतलें. तूं मात्सो बाजयेर न्हिदून सुशेग घे.'

'महाशय, न्हावन घेवन इल्लेशें जेवणाचें पळयात -' अशें म्हणून बेट्टय्या उठून उबो रावलो.

'जेवणाचें पडलें पाड. पयलीं कामाचें उलोवया. तूंय बस.' अशें वेंकटरमणय्यान बेट्टय्याक म्हणलें.

'जाग्यार पडलें न्हय तें' बेट्टय्या मुमुरकोच हांसलो.

'दोन लायलेबगर खंयचीं भुरगीं मोन्यांनी आयकून घेतात? सांग पळोवया!

बस, तूं सांग ताका कितेंतरी', अशें म्हणत तो उठून बाजयेर बसलो आनी वणटीक तेंकलो.

## 6

कुडींत शांतताय पातळिल्ली. बेट्टय्या दारांत हुमराकडेन बशिल्लो. सत्या मेजाच्या पांयाकडेन जमनीर बशिल्लें.

'कितेंय उलोवपाचें आसा, उलय.' अशें वेंकटरमणय्यान म्हणलें.

'हांवें सगळें पत्रांत स्पश्ट बरयलां.' सत्यान थंडसाणेन सांगलें.

'तूं कितें एकलेंच शिकलें ना बरोवपाक. जें कितें सांगपाचें आसा तें म्हजे मुखार उबें रावन उलय.'

'तुमी इतले तिडकल्ले आसात. हांव कितें उलोवं?'

'तुमी शांत जायात. अहिंसा म्हणल्यार-' बेट्टय्यान म्हणलें.

बेट्टय्याचें उलोवप मदींच थांबोवन अप्पान म्हणलें, 'हांव रागार आसां असो दिसतां? ताका सांग जें उलोवपाचे आसा तें स्पश्ट उलय म्हूण.'

सत्या दृढ पूण सकयल्या सुरांत उलयलें. 'पत्रांत बरयिल्लें तें परतें म्हज्या तोंडान आयकूंक जाय म्हूण जर तुमचो हट आसत जाल्यार सांगतां तुमी आयकात. जातीं-पातींचेर म्हजो विस्वास ना. श्रीनिवासाकडेन लग्न जावप हें काय चुकीचें काम न्हय.'

'जाती-पंथ फट? धर्मूय फट?' वेंकटरमणय्यान म्हणलें.

'धर्म फट म्हूण कोणूच म्हणूंक शकचो ना. पूण जात-पंथ, रीत सगळें फट.'

'जाती-पंथ फट?' अप्पा तिडकले आनी म्हणूंक लागले. 'हांव ब्राह्मण. तू म्हगेर जल्माक आयलां. तो चांडाळ शूद्रांचो हें फट? तिरुमलेगौडा हें ताचें नांव. श्रीनिवास म्हणलें, श्रीनिवासराव म्हणलें नाजाल्यार श्रीनिवासमूर्ती म्हणलें, नांव बदललें म्हूण तो ब्राह्मण जावंक शकता?'

बेट्टय्या मदींच उलयलो, 'हे चलयेन जें थारायलां तें योग्य काय अयोग्य हो विंगड प्रस्न. जाती-पंथ फट आनी चुकीचे अशें महात्माय म्हणटाले. हांव थंय आसतना...'

'तुगेल्यो त्यो महात्माच्यो गजाली हांगा नाकात' वेंकटरमणय्यान सट्ट करून म्हणलें. 'हरवीं भिकणां आनी बोकडेचें दूद पिवन पित्त चाळवतकीच तो जाण्टेलो तसोच बडबडटलो आनी तुमी आयकतले?'

सत्यान म्हणलें, 'हांवें कोणाचें अनुकरण केलें ना. हांव वाचतां. स्वतंत्र विचार करतां. म्हाका जें योग्य दिसता तशें हांव वागतां.'

'तशें जाल्यार तुजी जात खंयची?'

'बायलेची जात. श्रीनिवासाची दादल्याची जात आनीक कांय फरक ना.'

'असल्यो शाणपणाच्यो गजाली हांवेंय खूब आयकल्यात. ज्या घरांत तुवें जल्म घेतला त्या घराचे मर्यादेची याद दवरून उलय.'

'हें पळयात. हांवें पत्रांत लेगीत रितसर बरयलां. म्हज्या ह्या थारावाचेर जर तुमकां कसलोय त्रास जाता जाल्यार हांव गांवांत येवचें ना. जर आयलेंच जाल्यार म्हाका रांदचेकुडींत आनी देवाकुडींत वचपाक दिवंनाकात. गांवांतल्या हेर ब्राह्मणांनी तुमचेर बहिश्कार घालपाक नाका. म्हजेखातीर देवस्थानाच्यो जमनी तुमगेल्या हातांतल्यान वचपाक नाका. लग्न जातकूच तुमी म्हाका घरांत घेवंनाकात. तुमी वर्सांतल्यान एक फावट म्हाका मेळूंक बेंगळूराक येयात. पांयांक हात लावन लेगीत हांव तुमकां पांय पडचें ना. आनी तुमगेल्या अनवाळपणाक बाधा हाडचें ना. हांव पयसुल्ल्यानूच बागोवन नमस्कार करतां. तुमी आशिर्वाद दियात.'

'पळयलें, बेट्टय्या, कशें उलयता म्हजें बुदवंत चली! हांवें ल्हानाचें व्हड केल्लें चली.' अशें वेंकटरमणय्यान म्हणलें.

'ही बुदवंतकाय न्हय. खरी गजाल आसा ती सांगतां. तुमकां त्रास जातात हाची म्हाका जाणविकाय आसा. पूण म्हजी बाजू जाणून घेवपाचो तुमी येत्नूच करिनात. कितलींतरी वर्सांसावन चालीक लागिल्ल्यो ह्यो पद्धती जो मोडपाचो येत्न करतलो ताका हो त्रास जातलोच आनी ताचो हेरांकूय त्रास जातलो. कोणे तरी हो त्रास सोंसलेबगर ह्यो चालीरिती मोडपाच्यो तरी कशो? तुमी जाका धर्म समजतात त्यो सगळ्यो रूढी आसात. समाजांतलो हो भेद कित्याचेर आधारून आसा - जनसमुदाय, रंग, चेहऱ्याचे काय कुडीचे आकृतीचेर? पळयात. बेट्टय्यांचो रंग काळो. तुमचोय रंग काळो. तांचेवरीच मोठ्ठें नाक, तुमचेय ओंठ दाट. म्हजो रंग पळयात. म्हजोय रंग काळोच. ह्या बेट्टय्याची चली - नांव कितें ताचें?'

'मीरा' बेट्टय्यान म्हणलें.

'हां. मीरा. तिचो आनी म्हजो रंग, रूप, चेहऱ्याची आकृती कसलेय बाबतींत फरक ना. पूण तें वता-वाऱ्याक म्हजेपरस चड भोंवता म्हूण चड काळें दिसता इतलेंच.' अशें म्हणून कांय खीण सत्या खंयच्च्यातरी यादींच्या ल्हारांत व्हांवन गेलें. कांय वेळान परतें उलोवंक लागलें. 'बेट्टय्यांचे वसतेंत एक

मातंग समाजांतली बायल रावता न्हय? तुमगेल्या समाजांतल्या एकल्याकडेन लग्न करून दिलें आनी ल्हान वयाचेरूच तिगेलो घोव मेलो. ती एक दीस...'

'तुका आनीक एक फावटी व्हाणानीं बडोवपाक जाय?' अशें अप्पान मदींच रागान म्हणलें, 'तुगेलें भाशण आतां लांबत आसा. आमचो सगळ्यांचो रंग काळो खरो. कस्तुरीय काळी, कोळसोय काळो. कोळसो कस्तुरी जावंक शकता?'

'अप्पाच्या पोटाक भूक लागल्या आसतली. तेखातीर तांकां राग येता. तांकां न्हांवक उदक दी आनी कितेंय जेवणाचें पळयात. हांव वतां आतां -' अशें म्हणून बेट्टय्या उठलो.

'उठूं नाकात. बसात. हो विशय असो सोंपचो ना. तांकां कितलो मनःस्ताप जाता हाची म्हाका जाणविकाय आसा. पूण म्हाका समजून घेवपाचो येत्न लेगीत करनात. हांव ती घडिल्ली गजाल सांगतालें. तेन्ना हांव आठ वर्सांचें आशिल्लें. एक दीस हांव सांजवेळां अप्पाक सोदीत शेतांत गेल्लें. थंय अप्पा नाशिल्ले. मातंगी शेतांत कसलेंतरी काम करताली. म्हजेकडेन उलयली, मातंग जातीची खबर आसून लेगीत हांव तिचे म्हऱ्यांत गेलें. ती पयलींसावन निवळ आनी वेवस्थित न्हेसताली. दांतांच्या खांचीतली काळसाण सोडली जाल्यार ती आमचेवरीच दिसताली.'

'हय, ती आतां लेगीत सदांच अनवाळें न्हेसता.'

'हांव तिचे म्हऱ्यांत उबें राविल्लें. रस्त्यावयल्यान वचपी कोणतरी परगांवचे लोक तिकाच शेताची धनीण म्हूण समजून शिंयाळीं मागपाक लागले. आपूण धनीण न्हय म्हूण सांगल्यार लेगीत कोणाक पटलें ना. म्हजेकडेन लक्ष वतकूच तांणी तिका विचारलें, तुमगेलें चली?' तिणे सांगलें, 'न्हय', धनयाचें. हाचेर त्या लोकांनी म्हणलें, 'शिंयाळीं दिलीं जाल्यार लुकसाण जातलें अशें दिसता जाल्यार दिना म्हूण सांग. आपले चलयेविशीं अशें फट कित्याक उलयतात?' अशें म्हणून ते लोक मुखार गेले. गेल्ले खेपो हांव गांवांत गेल्लें तेन्ना ती म्हाका बांदाचेर मेळ्ळी. तेन्ना म्हाका ही पोन्नेली घडणूक याद जाली. कित्याक म्हणल्यार तिगेलो चेहरो, नाक, कपल, दोळे, रंग सगळें म्हजे भशेनूच आशिल्लें. मागीर ती मातंग समाजाची कशी जाली आनी हांव कशें ब्राह्मण जालें? हिंदुस्थानांतल्या प्रत्येक प्रदेशांतल्या लोकांक पळयात जातीचो फरक जाणवना. सगळ्यांचे चेहरे एकेभाशेन आसतात.'

बेट्टय्याचे नदरेन हातूंत नवें अशें कांयच नाशिल्लें. हेरांकडेन उलयतना ताणींय ह्या विचारांचो खूब फावटीं उल्लेख केल्लो. पूण आतां एक पयले श्रेणींत

एम.ए. पास जाल्लें हें ब्राह्मण चली ग्रामदेवाचे पुरोयत आशिल्ल्या आपल्या बापायवांगडा असल्यो गजाली करता तें आयकून बेट्टय्यांक अजाप दिसलें. उमेदूय जाली. तागेलो बापूय मात मौन पाळिल्लेवरी ओगी बसून आशिल्लो. इतलो वेळ रागान सणसणटालो तें आतां कमी जाल्ले वरी दिसतालें. पूण चेहऱ्याचेर खुशालकाय नाशिल्ली. धा मिणटां सगळीं ओग्गी आशिल्लीं. जशें कितें कुडींत पातळिल्लो मोनेळ प्रज्ञेमेरेन पावपाचो येत्न करतालो. इतल्यांत तेच माळयेवयले एके बायलेच्या पावलांचो आवाज सत्याच्या कानार पडलो. ल्हव पावलांनी वचून सत्यान सट्ट करून दार काडलें आनी भायर पळयलें. ती बायल तागेल्या रुमाकडल्यान मात्शी पयसूच उबी रावन सगळें आयकून फाटल्यान वळ्ळी.

'कित्याक? परतीं वतात? म्हगेले कुडींत येवन सुशेगाद बसून आयकात' अशें सत्यान म्हणलें.

पूण अपमानीत जाल्ली ती शेजान्न सडसडीत घरांत गेली आनी दार घालून वयली खिळी घाली. सत्या भितर येवन परतें आपल्या जाग्यार बसलें. परतो मोनेळ पातळिल्लो. पांच मिणटांनी तेंच उलयलें, 'जाती-पंथ सगळें फट अशें प्रत्येक वेदान्त सांगता. दासांनी लेगीत हेंच सांगलां. कोण कितें सांगता हें म्हत्वाचें न्हय. आपापलें अंतर्मनूच सत कितें तें सांगता. आपले अणभव आमकां दिका दाखयतात. पूण अप्पा, रूढी आमच्या अंतर्मनाक धांपून उडयतात. अणभवांतल्यान दिसपी वाट ह्यो रुढी पुसून उडयतात. ह्या रुढींचेर जैत मेळोवपाखातीर आंगांत धिटाय आसूंक जाय. भिजूड मनशां मात एकाद्र्या क्षुद्र किड्यावरी आंगाचेर माती ओडून घेवन जगतात.'

परतीं पांच मिणटां शांतताय पातळ्ळी. ही उतरां त्या दोगांयच्या प्रज्ञेमेरेन पावपाची स्फूर्त दितालीं. सत्या म्हणपाक लागलें, 'अप्पा, ह्या लग्नान हांव शंबर टक्के सुखी जातलें असल्या भ्रमांत हांव ना. भोंवतणच्या समाजान आपणायलें ना जाल्यार संवसारांत कसलें सुख? पूण रूढीचेर विजय मेळोवन आपल्या मनाप्रमाण वागिल्ल्याचो आनंद तर निश्चीत मेळयतलें. अप्पा, म्हाका मारलें म्हूण तुमी वायट दिसून घेवं नाकात. म्हजेर हात उबारपाचो अधिकार तुमकां नाजाल्यार आनीक कोणाक आसा?'

निमाणें वाक्य म्हणटना सत्याच्या दोळयांत दुकां आयलीं. दुकां आडावपाचो कितलो येत्न केलो तरी दुकांक आडावपाक ताका जालें ना. रगतान भरिल्ल्या पदरान ताणें दोळे पुसले.

'बाय, तूं आतां हॉस्पिटलांत नाजाल्यार दुकानार वचून घायांक वखद घेवन यो. जखमेचें फेरीद जातलें' अशें बेट्टय्यान म्हणलें.

'ह्यो जखमो मारांनीच जाल्यात हें कोणूय पळयतकीच वळखतलो. दोतोरान, 'कोणे मारलें' म्हूण विचारलें जाल्यार बापायन मारलें म्हूण सांगूं? इतले दीस मायेन वाडयिल्ल्या बापायन म्हाका आयज रागान मारलें म्हूण सांगू? ते खातीर हांव खंयच्याच दोतोराकडेन वचना. जखम आपसूकच भरून येतली.' अशें म्हणत सत्यान पदरान आपले दोळे पुसले.

परतीय कुडींत शांतताय पातळ्ळी. गंभिरतायेन बशिल्लो अप्पा अचकीत उठून उबो रावलो. 'कितलीं वरां जालीं म्हूण कोण जाणा. बेट्टय्या म्हाका बसस्टँडार पावोवन यो.'

सत्यान म्हणलें, 'हांव बसस्टँडार पावयतां. म्हगेलें पत्र तुमकां काल दनपरां पावलां आसतलें. तेन्नासावन तुमी पोटांत कांयच घेतलें ना. हें म्हाका खबर आसा. उठात, न्हावन घेयात. हांगा एक ब्राह्मणाचें हॉटेल आसा. ते भितर सकयल पाटाचेर बसोवन वाडटात. जेवन घेयात.'

'तशेंच करात' - बेट्टय्यानूय ताचेर भर घाली.

'तुवें हें जें काम करून दाखयलां, ताणें म्हाका जेविल्लेवरी जालें.' अप्पा परते तिडकले. 'तूं लग्नाचो विचार सोडून दी. जाल्यार हांव जेवतां.'

'अप्पा, ल्हान भुरग्यांवरी तुमगेलो हट! इतलो वेळ हांव कितें सांगत आशिल्लें?'

'तशें जाल्यार हांव वतां. तुका ल्हानाचें व्हड केलें! मागीर म्हज्या नशिबांत उपास आयल्यार तातूंत अजाप दिसपा सारकें कितें!' अशें म्हणून आपली पिशवी घेवन धेंपां मारीत घरांतल्यान भायर सरून गेलो.

'रावात' अशें म्हणचे पयलींच सरसरीत माळयेचीं सोपणां देंवन सकयल पावलो.

सत्यान परतें येवन बेट्टय्याक विनवणी केली : 'हांव तांचे फाटोफाट गेल्यार ते रस्त्याचेरूच म्हजेर तिडकतले. तुमी उपकार करून तांकां बसस्टँडार पावयात. बस आसल्यार तांकां बशीर बसोवन आयल्यार बरें जातलें. उपाशीं आसात. कसलींय फळां मेळ्ळ्यार तांकां घेवन दियात.'

'बरें' अशें म्हणून बेट्टय्या उठलो आनी पांयात व्हाणो घालून वेंकटरमणय्या फाटल्यान चलपाक लागलो. सत्या ताका दिश्टी पडटा तितलो वेळ पळयत रावलें. मागीर भितर येतना दारांत पडिल्ल्यो अप्पाच्यो व्हाणो दिश्टी पडल्यो. घालिनासतनाच तो तसोच गेल्लो. गांवात व्हाणो नासतना

भोंवपाक जाता. पूण शारांतल्या रस्त्यांचेर कांचेचे कुडके वा वतांत तेंवपी, चटके दिवपी डांबरी रस्ते. असल्या अपायकारक वस्तूंपासून राखण मेळपाखातीर व्हाणो घालच्योच पडटात. तेखातीर सत्यान रोखड्योच कागदांत व्हाणो बांदल्यो आनी बेगबेगीन माळी देंवन झरझरीत रस्त्यावयल्यान चलून बेट्टय्या दिश्टी पडना फुडें ताका उलो मारलो आनी रावयलो. आनी ताचे म्हऱ्यांत वचून म्हणलें, 'अप्पा व्हाणो विसरून गेल्यात. हांव तुमचे वांगडा येवन तांकां दितां.'

'हांवूच व्हरून दितां बाय' अशें बेट्टय्यान म्हणलें.

'तांणी वापरिल्ल्यो व्हाणो तुमकां व्हरपाक कशें सांगू?' सत्याच्या मनांतले विचार जाणून घेतकीच बेट्टय्यान म्हणलें, 'वापरिल्ल्यो व्हाणो आफडप हो आमचो वेवसाय न्हय? पळयात, अप्पा आयज लेगीत आमच्या लोकांनी केल्ल्यो व्हाणोच वापरतात. तांणी हेर कंपनीच्यो व्हाणो केन्नाच पळयल्यो नात.' अशें म्हूण सत्याचे हातांतली कागदाची पोटली घेवन मुखार वचपाक लागलो.



# तीन

## 1

सत्यभामान गांवात पत्र बरयिल्ल्या दिसाच श्रीनिवासानूय आपल्या घराकडेन सांगपाचें थारायिल्लें. सत्या पयस आशिल्लें म्हूण ताणें पत्र बरयिल्लें. पूण बापायमुखार रावन सांगप ताका जमलें ना. हाचेविशीं आपल्या बापायची प्रतिक्रिया ताका खबर आशिल्ली. तो एक वर्स गांधीजींच्या आश्रमांत रावन आयिल्लो आनी स्वातंत्र्याचे चळवळींत देशाखातीर बंदखणींत राविल्लो बापूय आपल्या भाशणांत जातीयवादाचेर उलोवपी आनी जातीभेद पाळपी न्हय हें श्रीनिवासाक खबर आशिल्लें. आपलो बापूय प्रत्येक भाशणांत जातीयवादाक लागून भारताची कितली दशा जाल्या हें गंभीरतायेन सांगता हें ताकाय खबर आशिल्लें. तेचबरारबर फाटलीं हजारांनी वर्सां आमचे मुखार आशिल्ल्या ब्राह्मणांचे पांय ओडलेबगर हेर लोक मुखार येवंक शकचे नात ह्या विचाराचेर तांचो दृढ विस्वास आशिल्लो. ब्राह्मणाचे चलयेचें आपल्या चल्याकडेन लग्न करून दिवपाची संद तो सोडचो ना हाची श्रीनिवासाक खात्री पटिल्ली. तरीकूय ताणें ह्या विशयाक तोंड फोडपाचें एक दीस मुखार धुकल्लें. दुसऱ्या दिसा सगळी घडणूक एका कागदाचेर बरोवन ती चीट 'अप्पाजींक' दी अशें आवयक सांगून तो सत्याक मेळपाक गेलो.

पत्र वाचून विशय कळटकीच उपमंत्री मेलगिरीगौडाक एके तरेचो आनंद जालो. पयलीं स्वता विचार करप आनी उपरांत दुसऱ्यांक सांगप ही ताची पद्धत. पूण ही खबर मात आपले बायलेक रंगम्माक रोखडीच सांगली. ती अक्षर अक्षर जोडून कन्नड वाचपी बायल. मंत्रीमहोदयांवांगडा अर्धांगी म्हूण तुमकूर आनी बेंगळूरांत रावताशिल्ल्यान कांय शारी संवयी तिणें आपणायिल्ल्यो. तरी असले विचार सहजतायेन स्विकारपाइतली ती आधुनीक मनाची नाशिल्ली. घोवाचीं उतरां आयकनाफुडें ती काचाबूल जाली.

'घराची वाट लावपाचीं लक्षणां' रंगम्मान म्हणलें.

'कित्याक? अशें कित्याक म्हणटा?'

सगळें सारकें आसा अशें कितलेंय म्हणलें तरी गाडव तें गाडवूच, घोडो तो घोडो!'

'आतां म्हाका सांग गाडव कोण आनी घोडो कोणाक म्हणटा तूं?'

ह्या प्रस्नान ती घुस्पल्लेवरी जाली. ब्राह्मणाक जर घोडो म्हणलो जाल्यार आमी गाडवां जालींना? पूण हो अपमान सहन करपाची तिची तयारी नाशिल्ली. तशें नाका, आमकांच घोडो म्हणल्यार ब्राह्मणांक गाडव म्हणिल्लेवरी जालेंना. ताका तशें म्हणप समा न्हय. कित्याक म्हणल्यार बरोवंक, वाचूंक, अभ्यासांत, रांदपांत, वागणुकेंत, शुद्ध उलोवप ह्या सगळ्यांत ते आमचेपरस मुखार. हे गजालीचेर घोव आनी मांवांचें मत एकूच आशिल्लें. तेखातीर तिणे म्हणलें, 'हांवें कितेंय म्हणलें म्हूण तो मुद्दो घेवन बसूं नाकात. हाताचीं सगळीं बोटां सारकीं आसनात.'

'म्हणल्यार आमी किरंगळी आनी ते व्हडलें मदलें बोट?' मेलगिरीगौडान म्हणलें.

'तुमचेकडेन उलोवपाक जावचें ना. कितेंय केल्यार ते ब्राह्मण ते ब्राह्मणूच आनी आमची जात ती आमची जात. अशें घडलें जाल्यार घराची वाट लागतली.'

'तुका म्हगेलें मत पटना आनी तूं तुगेलें अनपड पुराण सोडना. ते आमचेपरस कशे श्रेश्ठ? हांव पुरोयत वेंकटरमणय्या वांगडाच शिकतालों. म्हजो कन्नड उच्चार सारको जायनाशिल्लो म्हूण सगळे म्हजीं फकाणां करताले. एक फावटी मास्तरान गरूड म्हणपाक लायलें. पुरोयतान सारकें म्हणलें. हांवें गल्ड म्हणलें, तेन्ना म्हजी कितलीं फकाणां केलीं तूं जाणां? म्हाका आतां कळटां तें. मास्तर आनी वेंकटरमणय्या एकेच जातीचे. एकेच तरेची भास उलोवपी. तेखातीर मास्तरान जें सांगलें ताचो उच्चार ताणें सारकोच केलो. पूण हांव म्हणटां, तांगेल्या जातींच्या लोकांचे उच्चार सारके कित्यावयल्यान? गल्ड उच्चार कित्याक जावचो न्हय?'

'तशें कशें जातलें? तुमी म्हणलें म्हणून तें तशें जाता?' अशें रंगम्मान म्हणलें.

'भाशेचें कितें? आमी जशें उलयतात तशी ती तयार जाता. तें आसूं. आतां हांव तांचेवरी शुद्ध कन्नड उलयना? भाशणाक उबो रावल्यार कोणाक धीटाय आसा म्हज्या चुकांचेर बोट दवरपाक? जाणें गरूड असो स्पश्ट उच्चार केलो तो गरुडखांब्याची मंगळारत करून पुरोयत जावन बसलो. गल्ड म्हणपी

हांव बी.ए.बी.एल्. करून जालों वकील. एम.एल्.ए.य जावन आतां मंत्री जालां. आमचेपरस ते कशे श्रेश्ठ म्हणटा?'

'श्रेश्ठ-कनिश्ठ, पूण ते आनी आमी विंगड आसात हें मात खरें. जाती पाती देवान केल्यात त्यो फट न्हय. अशें काम केल्यार बरें जावचें ना.' अशें तिणें आपल्या उलोवपाचें स्पश्टीकरण केलें.

'देव कितें हे ब्राह्मण, हे शूद्र अशें म्हूण जल्माक घालता? हें सगळें ब्राह्मणांनी केलां. आपूण कांयच कश्ट करिनासताना सुख-सुविधा आनी आयतें खावंक मेळचें म्हूण तांणी आमचेकडल्यान मरसर काम करून घेतलें. आमकां बुद्द कमी आशिल्ल्यान इतले दीस आमगेले लोकूय तें मानीत आयले. आतां लेगीत गांवांतले लोक मानतात. आमीय ताचेर विस्वास दवरूंया? हें फट म्हूण लोकांमदीं जागृताय हाडून तांकां पटोवन दिवपाक जाय. हें आमचे सारकेल्या मुखेल्यांचें कर्तव्य. म्हजेय येत्न तशेच आसात -'

'तें कितेंय आसूं. सून म्हूण घरा हाडिल्ले चलयेकडल्यान आमगेलें उश्टें काडपाक लावप. ब्राह्मणाचे चलयेक असलीं कामां करपाक लायल्यार आमगेलें घर आनी उरचें ना. वंशाचो नाश जातलो.'

'आमगेल्या घरा येतकीच तें ब्राह्मण कशें उरतलें? आमगेलेच जातीचें जातलें.' अशें मेलागिरीगौडान म्हणलें.

'तशी जात कशी बदलतली. तशें योग्य न्हय. गाडवांच्या तबेल्यांत पाविल्ल्या घोड्याक धड धांवपाक जावचें ना. ना धड वजें व्हांवोवपाक जावचें ना.'

'परतें गाडव-घोडो म्हणटा व्हय.' अशें म्हूण तिचेर आड्डलो.

तिका आपले चुकीची जाणविकाय जाली. तिणें जीब चाबत म्हणलें, 'परतेंय म्हज्या तोंडात आयलें.'

'चूक तुजी न्हय. इतल्या वर्सांची संवय कशी वतली ती! हजारांनी वर्सां जालीं, आमकां शिक्षण दिनासतना तांणी आमकां खऱ्यांनीच गाडव करून दवरले. आतां कळटा आमकां, आमीच घोडे आनी तीं गाडवां म्हूण. मुखार कोण वता ताका घोडो म्हणपाचें, फाटीं पडले ते गाडव. मंत्री जाला कोण? हांव काय तो पुरोयत?'

घोवाकडेन वाद घालो जाल्यार आपूण जिखची ना हेंवूय तिका खबर आशिल्लें. ते बुदवंत. ह्या घरांत सगळें तें सांगतात तशें जाता. पूण हें लग्न मात जावंक दिवपाक जायना. तें एम.ए. जाल्लें चली. पयलीं सावन पयल्या वर्गांत पास जाल्लें. श्रीनिवास बी.ए. जावन बी.एल्. नापास जाल्लो. सगळ्या परिक्षांनी

एक फावट तरी नापास जावन परती परिक्षा दिल्लो भुरगो हो. अशें आसतना हें चली सून जावन येतकीच कोणाचें आयकतली?

तशें पळोवपाक गेल्यार तें अनवळखी न्हय. एकाच गांवचीं. फकत गांवातूच न्हय, बेंगळूरांत आसतना घराकडेन येवन मेळून वतालें. श्रीनिवासाची आनी सत्याची तूं-हांव करून एकवचनान उलोवपी वळख. तिरुमलापूरांत दोगांय वांगडा हायस्कुलांत शिकिल्लीं. बेंगळूरांत तागेलो बापूय लेगीत येवन गेल्लो. फकत जेवलो ना. फळां-बिळां खालीं. एकफावटी तांदूळ मागून वेगळेंच शिजोवन जेविल्ले. ब्राह्मणांनी तशेंच वागपाक जाय. 'आवयस्, सत्याक मात तशें कायंच ना. कोणागेरूय जेवता -' अशें श्रीनिवासान सांगिल्लें. हांगाच बसून जेविल्लें. आयच्या काळांतलें चली. कॉलेज शिकिल्लें. जेवलें म्हूण कितें चुकलें म्हूण हांवूय ओगी रावलें. पूण दोगांय मेळून अशीं करतलीं हें हांवें येवजिलें लेगीत ना. दादल्याच्या लक्षांत कशो येतात ह्यो गजाली म्हूण कळना. ते म्हणूंक लागले, 'तुगेलो चलो हे ब्राह्मणाचे चलयेकडेन लग्न-बिग्न जाता काय कितें?' त्यावेळार रंगम्मान म्हणिल्लें, 'आयकलें, ब्राह्मणाची चली ती. दोगांय वांगडाच शिकिल्लीं. तेखातीर तुमी तशें कित्याक म्हणपाक जाय?' तेन्ना ते बेश्टेच हांसले. म्हणल्यार तांकां पयलींच खबर आशिल्लें काय कोण जाणा?

रंगम्मान विचारलें, 'तीं लग्न जातलीं म्हूण तुमकां पयलींच खबर आशिल्लें?'

'म्हाका कितें खबर? बायलमनीस आसून लेगीत तुका ह्यो गजाली कशो मतींत आयल्यो नात?'

'ब्राह्मणाचे चलयेकडेन तो अशें थारायतलो हें म्हाका कशें कळटलें?' मेलगिरीगौडा हांसपाक लागलो.

पूण तिणें म्हणलें, 'ह्यो कितें परस्पर आमचेभितर थारावपाच्यो गजाली? गांवांत तुमगेले बापूय आसात. तांचो विचार करपाक नाका? तागेल्या अप्पाक आनी भावाक विचारात. नाजाल्यार व्हाणो घेवन येतले. मागीर थंड पडटलीं.'

'तागेल्या बापायक समजावपाची जापसालदारकी म्हजेर सोंपय. तुका चिंता करपाची गरज ना. सुनेन येवन उश्टीं काडपाचे दीस गेले आतां. भुरगीं सुखान रावल्यार पुरो.' अशेतरेन बायलेक उपदेश आनी आज्ञा दोनूय एकेच फावट दीत ताणें म्हणलें.

इतल्यांत कोणतरी मेळूंक आयल्यात म्हणून मेलगिरीगौडा तांकां मेळपाक फुडल्या दारांतल्यान उजवेवटेन आशिल्ल्या ऑफिसांत गेलो. भितर आयिल्ली रंगम्मा मात आपल्याच विचारांत गुल्ल जाल्ली. शारांत रावपी खंयचीय सून म्हूण

आयल्यार शेणा लोळो काडची ना. सान्न, आयदनां घांसची ना. आतां हांव लेगीत तें काम करिना. घरांत भरपूर नोकर-चाकर आसतना तो प्रस्नूच खंय येता? आनी श्रीनिवास पयलीं खंय गांवात रावपाचो आसा. सगळो जाती-पातीचो बोवाळ खेड्यांतूच आसता. बेंगळूरात ब्राह्मणाच्यो बायलो आमगेल्या घराकडेन येतात. कॉफी, सांजो लेगीत खातात. आनी मंत्र्यां वांगडा इंग्लिशींत गजाली करतात. शारांत जातीभेद नाच्च जाला. तरीकूय श्रीनिवासाक समजावपाक जाय. तू हें करता तें समा न्हय म्हूण. ताका समजावन मनांतलो लग्नाचो विचार काडून उडोवंक जाय. ताणें हट धरलोच जाल्यार कितें करपाक जाता? बापूय-पूत एक जाले जाल्यार म्हजे बाबडेचें कोण आयकतलो? आनीक एके गजालीचें तिका अजाप दिसलें. हें कोण व्हडलें रूपसुंदरी म्हूण ताका इतलें आवडलें कोण जाणा! नीलगिरी गांवांत गेल्यार आमगेल्यो कितल्यो तरी गोऱ्योगोमट्यो चलयो मेळटात. हें तर त्या तिरुमलापूरांतले खंयचे तरी सकयले जातींतली चली कशी दिसता. ब्राह्मणाचें चली, तातूंत कॉलेजींत शिकिल्लें. तेखातीर चेहऱ्याचेर तेज आसा इतलेंच. हेचखातीर श्रीनिवास ताचेर इतलो मोग करता.

## 2

दुसऱ्या दिसा सांजवेळा पांच वरांचेर तांगेल्याच भागांतल्या राखीव जाग्यांतल्यान वेंचून आःयिल्लो आमदार बेट्टय्या तांगेर आयलो. असेम्ब्ली बंद आशिल्ली. तो कसल्यातरी म्हत्वाच्या कामा निमतान आयिल्लो. तो वरांदार सोफ्याचेर बसलो. त्याच सोफ्याचेर शेजरा बसून मंत्र्यान गांवांतली चवकशी केली. तिरुमलापुरांत बेट्टय्या मंत्र्याच्या घरांत पावल लेगीत दवरिनाशिल्लो. मंत्रीय ताका केन्नाच भितर आपयनाशिल्लो. हुमऱ्याभायर बेट्टय्या आनी भितर मंत्री रावन एकामेकांची चवकशी करताले. तो गांव आनी हें बेंगळूर शार. मंत्री रावता तो बंगलो सरकारी आशिल्लो. ताचे भोंवतणची बाग, भायली नितळसाण, सोफा, मेज, कदेलां, खाट सगळें सरकारी. हांगा थंयचेवरी भेदभाव चलना. तातूंत मेलगिरीगौडा गांधीजींच्या आश्रमांत रावन आयिल्लो. घरांतली जाणटी मंडळी आनी बायलो अनवाळें, जात-पात पाळटाली. पूण तो स्वता हे गजालीक व्हडलेंशें म्हत्व दिनाशिल्लो.

'अरे वा! ह्या वेळार खंयचे बशीन आयले?'

'बाराचे बशीन आयिल्लों.'

'तशें जाल्यार एम.एल.ए. हॉस्टेलांत गेल्ले तर? पूण हातांत तर पिशवी आसा.'

'आमगेले गांवचे पुरोयत आयिल्ले...' अशें म्हणून बेट्टय्या मदींच रावलो. आपणे ही गजाल सांगपाक जायनाशिल्ली अशें दिसलें तरी जावपाची ती चूक जालीच.

'कित्याक सायबा, तांचें कसलें काम आशिल्लें हांगा?'

'चलयेक मेळपाक म्हूण आयिल्ले. बस उसरां आयली. तांकां चलयेचे कॉलेजींत व्हरून तागेलो रूम सोदून काडून तांकां थंय सोडून आयलों. उपरांत खावन-पिवप घेयसर भायर सरपाक वेळ जालो.'

मंत्री मनांतल्या मनांत हांसलो. ताचो अर्थ बेट्टय्याकूय कळ्ळो. मंत्र्यान म्हणलें, 'आमचेपसून कितें लिपोवन दवरतात? तुमचे आनी आमचेभितर कसलें गुपीत? सांगूंक जायना?'

'तुमकां सगळें खबर आसा जाल्यार हांवें आनी कितें सांगपाचें?'

'म्हणल्यार तुमी कसलीच सुलूस लागपाक दिवचे नात तर! पुरोयत हांगासर कित्याक आयले?' मंत्र्यान म्हणलें.

'कित्याक? तुमकां खबर ना?'

'बेट्टय्या, खरें म्हणल्यार तुमी इंग्लडाचे प्रधानमंत्री जावपाक जाय आशिल्ले. बापूय आनी चलये मदीं कसलीं उलोवणी जालीं?'

'म्हाका कशें खबर आसतलें. हांव भायर उबो आशिल्लों.'

'म्हजेपसून लिपोवन दवरनाकात. सांगात.'

तरीकूय बेट्टय्या कांयच उलयलो ना. मंत्र्यान मुखार म्हणलें, 'तांणी चलयेक खूब तापयलां आसतलें. हाचेमुखार तुजो म्हजो कसलोच संबंद ना अशें म्हणलां आसतलें. न्हय?'

'प्रत्यक्ष पळयनासतना खंय कितें घडटलें हें तुमकां बेसबरें खबर आसता. वयल्यान म्हाका आनी विचारतात? तुमीच सगळें घडोवन हाडलां -'

'म्हजें कांय तंत्र-बिंत्र ना. दोगांयनीं एकामेकांक पसंत केलां तातूंत म्हजी कितें चूक? म्हाकाय पयरूच कळ्ळें. आमगेले हिकाच चार समजिकायेच्यो गजाली सांगल्यात हांवें. आरे, जातींत कितें आसा? एकामेकांक समजून रावप होच खरो धर्म. खरें काय ना? तुमगेलें आनी आमगेलें पळयात! आमगेल्यो जाती खंय एक आसात? जाती वेगळ्यो आसल्यो तरी अपुरबायेन रावल्यार जालें. खरें काय ना? तशेंच घोव-बायलेन रावपाचें. एकमेकांक बऱ्या-वायट प्रसंगार साथ दिवपाची. तोच खरो संवसार.'

उपरांत बेट्टय्यान आपूण ज्या कामाखातीर आयिल्लो ताची सविस्तर म्हायती सांगली. चलयेन म्हणल्यार मीरान मिडल स्कुलांत शिक्षिकेखातीर अर्ज घाला. ताका रोखडीच ऑर्डर मेळोवन दिवन तिरुमलापूरांत नोकरी मेळची अशें कर. आतां दुसरें काम मात्शें विंगड तरेचें आसा. तावरेकेरे तालुका-बोर्डाच्या अध्यक्षपदाचे वेंचणुकेखातीर मंत्र्यावटेन बोरनिंगेगौडा उबे रावल्यात तें योग्य थारतलें? पूण तांच्या विरोधांत कसबा नारायणराय उबे रावल्यात. शिवगेरे, हेग्गुंट आनी तिम्मनहळ्ळी ह्या भागांतली मतां विरोधांत गेल्यार बोरनिंगेगौडा वेंचून येवचे नात. तेखातीर मंत्र्यान बेगोबेग योग्य पावलां उखलपाक जाय. आदल्या दिसा स्वता बोरनिंगेगौडाच ही खबर घेवन आयिल्लो आनी तांणीच आग्रो करून बेट्टय्याक बेंगळूरात धाडिल्लो.

दुसऱ्या कामाचें स्वरूप पळोवन मंत्री मात्सो भियेल्लेवरी जालो. तालुका बोर्डाच्या अध्यक्षपदार आपलो मनीस ना जाल्यार आमगेल्या असेम्ब्लीच्या वेंचणुकेवेळार धपको बसपाची शक्यताय आसा. हें तांकां कळिल्लें. हो नारायणराय स्वताक राम मनोहर लोहियांचो शिश्य समजता. एकफावट ताचीं पाळांमुळां रुजलीं जाल्यार ताका थंयच्यान काडून उडोवप कठीण जातलें. तेखातीर पाळामुळां रुजचीं न्हय हाची जतनाय घेवची पडटली. मंत्री रोखडोच उठलो आनी ताणें मुख्यमंत्र्याकडेन संपर्क सादलो. नोकराक धाडून ड्रायव्हराक आपोवंक धाडलो. तो येतकीच ताका ताणें सांगलें, ‘आतांच आमकां गांवांत वचपाक जाय. घराकडेन सांगपाक जाय जाल्यार रोखडोच गाडी घेवन वचून सांगून यो.’

## 3

बेट्टय्या लेगीत मंत्र्यावांगडा गांवांत वचपाक भायर सरलो. दोगूय गाडयेच्या फाटल्या सिटार बसले. बेंगळूरची हद्द हुपतकीच मंत्र्यान विचारलें, ‘पुरोयत आयकतले अशें दिसता तुमकां?’

‘खूब रागार जाल्ले ते. व्हाणांनी मारून चलयेची फाट, हात, पोले सगळें आंग रगतान भिजयिल्लें. ते चलयेक सोंशीकसाण मात खूब आसा. महात्मा गांधीन सत्याग्रही कसो आसपाक जाय अशें सांगलां न्हय? तें रडलें ना, तिडकलें ना, रागार जालें ना, दुखता म्हणलें ना. मारून मारून शेवटाक वेंकटरमणय्याच घुंवळ येवन सकयल पडले. निमाणें सत्यानूच बापायची तकली मांडयेर घेवन उदक मारलें आनी वारें घालून तांकां शुद्धीर हाडले. ते चलयेचें

मन बदलावपाक कोणाच्यान जावचें ना. बापूय तर कशीच मान्यताय दिवचे नात.'

'आमी समानता म्हणटात, जातींक लागून समाजाची वाट लागल्या अशें म्हणटात. पूण हे ब्राह्मण आसा तेमेरेन जातीयवाद केन्नाच सोंपचो ना. खरें न्हय?'

हाचेर बेट्टय्या कांयच उलयलो ना. हो प्रश्न बेट्टय्याक आवडलोना हें मंत्र्याक कळ्ळें. एकाद्रो नावडीचो विशय आयलो जाल्यार अशें ओग्गी बसप हो ताचो सभाव मंत्र्याकूय खबर आशिल्लो. पूण हो तांचो जल्मजात सभाव काय साबरमती आश्रमांत वावरून आंगात आयिल्लो गूण आशिल्लो हें मात मंत्र्याक खबर नाशिल्लें. कारण एकाच गांवचे आसले तरी लागसल्ल्यान उलोवपाची संद मेळ्ळी ती साबरमती आश्रमांत. मंत्र्यान आपलो विशय बदल्लो. 'वेंकटेशाची बायल बाळंत जाली?'

'हय. चलो जाला. कालूच बारसो जाला.'

'व्वा! बरें दिसलें! आमगेल्या वेंकटरमणय्यांक नातू पळोवंक मेळ्ळो.' मोटारीन बेंगळूर ते तिरुमलापूरमेरेनचें अंतर सवायदोन वरांचें. एक्यायशीं मैलाचें अंतर. गांवांत पावतकूच बसस्टँडाकडेन मोटार थांबोवन देंवतना, 'फाल्यां सकाळीं वाड्यार पासय मारून वतां.' अशें सांगून बेट्टय्या तळ्याचे पलतडीन आशिल्ले आपले वसतेंत वचपाक भायर सरलो. कुळागर, शेत, गांव आनी भाट हुपून ताका आपले वसतेंत वचचें पडटालें. त्याचवेळार बेंगळूरच्यान बस येवन थंय रावली. बशींतल्यान देंविल्ल्या वेंकटरमणाय्यान जूस्त त्यावेळार मंत्र्याच्या मोटारींतल्यान बेट्टय्याक देंवतना पळयलो. ताका बशींतल्यान देंवतना मंत्र्यानूय पळयल्लो. वेंकटरमणय्यांचें तोंड गंभीर दिसतालें. ताणें मंत्र्याक पळोवन जाप लेगीत दिली ना. उलोवपाचे मनस्थितींत ना हें तागेल्या चेहऱ्यावयल्यान दिसून येतालें. कोणूच कोणाकडेन उलयलो ना. मंत्र्याची मोटार तागेल्या वाड्याचे दिकेन गेली.

तिरुमलापूरांतले रस्ते पयलींच्या काळांतले आसले तरी मोटार वचपा इतले रूंद आशिल्ले. पूण मंत्र्याच्या व्हडल्या घराच्या दारामेरेन मोटार व्हरप शक्य नाशिल्लें. कारण पन्नास पावलां पयलींच सोपणांक सुरवात जाल्ली. पाळेगारांनीं बांदिल्लें तें घर उंचायेर आशिल्लें. मंत्र्याची मोटार दिसनाफुडें गांवातले लोक तिच्या फाटोफाट आयले. मोटारींतल्यान देंवतकीच त्या सगळ्या लोकांची मंत्र्यान हांसत्यामुखान चवकशी केली आनी तो घराकडेन वळ्ळो. भितर पावल दवरतनाच ताणें मुखार आशिल्ल्या बापोलभावाक - काळेगौडाक सांगलें, 'हें

पळय सकयल मोटार रावल्या. बेगोबग कडगदहळ्ळी वचून बोरनिंगप्पांक आपोवन घेवन यो.' अशें सांगून भितर तो गेलो.

मेलगिरीगौडा थंय पावलो तेन्ना व्हडल्या धनयांची सांजवेळची पुजा निकतीच सोंपिल्ली. तो रातचो जेवना म्हूण निंगम्मान ताचेखातीर उप्पीट केल्लें. हात-पांय धुवन मंत्री मेलगिरीगौडा पाटाचेर बसलो. कांय अंतराचेर व्हडलो धनी कृष्णाजीन घालून ताचेर बशिल्लो. मंत्र्यानीच विशय काडलो आनी श्रीनिवास आनी सत्याभामाचो लग्नाचो विशय कळोवन वेंकटरमणय्यान बेंगळूरांत वचून सत्याक मारपेट केली आनी वेंकटरमणय्या निकतोच गांवांत आयिल्ल्याचें ताणें सांगलें. जेवण वाडटल्या निंगम्माकूय ह्यो गजाली आयकून खूब अजाप दिसलें. व्हडलो धनी मात सगळें गंभिरतायेन आयकतालो.

धंय-शीत कालयत मेलगिरीगौडान बापायक विचारलें, 'हाचेर तुमगेलें कितें मत? तुमकां विचारतलों म्हूण आयलों.'

एके तरेन हातूंत कांयच चूक नासली तरी दुसरे तरेन पळयत जाल्यार मात चूक कळून येता.'

'तें कशें?'

'पयलींच्या काळांत क्षत्रिय चली ब्राह्मणाक दिल्ल्याचीं उदाहरणां आसात. पूण ब्राह्मणाची चली क्षत्रियाक दिल्लीं नात.'

'म्हणल्यार, ब्राह्मण हे क्षत्रियांपरस श्रेश्ठ आसात अशें म्हणपाचें आसा तुमकां?'

'हें कशें जावंक शकता? सदांच हात मुखार करपी तांची जात. आमी दिवपी. म्हणल्यार आमी तांचेपरस श्रेश्ठ जालेना? आमची चली तांकां दान म्हणून दिली जाल्यार तातूंत कांयच चूक ना. पूण तांचेकडल्यान घेवप मात चुकीचें.'

'अप्पाजी, तुमी कित्याकितेंय सांगतात. पूण हिंदू कायद्याप्रमाण वयले जातीन सकयले जातींतली चली व्हेल्यार जाता. हें पळयात, पयलींच्या काळांतल्या शास्त्राकूच हिंदू लॉ म्हणटात.'

चल्याचें उलोवणें आयकून व्हडल्या धनयाक गडबडिल्ल्यावरी जालें. तो विचार करीत बशिल्लो. इतल्यांत मंत्र्याचें धंया-शीत सोंपिल्लें. व्हडल्या धनयान ताटांतच हात धुले. उपरांत उठून चौकाकडेन वचून हाताचेर हून उदक घालें. मागीर दोगूय देवाकुडीचे कुशीक, व्हडल्या धनयाच्या न्हिदपाचे कुडींत गेले. व्हडलो धनी बाजयेर कृष्णाजिनाचेर बसलो आनी मंत्री सकयले शेंदरेचेर बसलो.

पांच मिणटां मनांतल्यामनांत येवजून बापायन म्हणलें, 'तेन्ना उत्तर देशांतले ठाकूर आयिल्ले ताची याद आसा तुका? क्षत्रिय ब्राह्मणापरस श्रेश्ठ म्हूण तांणी सांगूं नाशिल्लें? ब्राह्मणा हातचें जेविनाशिल्ले. आदल्या काळांत ब्राह्मणांकडेन मंत्रशक्ती आशिल्ली. आतां तांचेकडेन कितें आसा? ह्या वेंकटशाकूच पळयात. पुरोयतपणूय जाय आनी हॉटेल चलयता. असल्या घरांतली चली हाडल्यार आमची मर्यादा खंय उरतली? चली दिवपाची-घेवपाची म्हणल्यार कितें तरी समानता आसपाक नाका?'

समानता ह्या निमाण्या उतरान मंत्र्याचें मन वेगळेच नदरेन येवजुपाक लागलें. ह्या लग्नाचे कसले कसले परिणाम जावंक शकतात? ब्राह्मणाचो मद देंवतलो. आयज ह्या ब्राह्मणांकडेन मस्ती करपासारकें आसा तरी कितें? सकाळीं उठनाफुडें 'म्हाका प्रायमरी स्कुलांत मास्तराचें काम दियात', 'चल्याक क्लार्काचें काम दियात', 'चलयेन टायपिंग केलां, अयशीं रुपयाची नोकरी दियात.' - अशें म्हणत म्हज्या फाटल्यान भोंवतात.

जांचेकडेन थोडें भाट-बेंस आसा, ते एक चार जाण त्या तावरेकेरेच्या नारायणरायावरी सोशलिस्ट-गिशलीस्ट पार्टी म्हूण नाचतात. असले जातीकडल्यान चली हाडल्यार अप्पाजी म्हणटात तशें आमचेपरस ते कमी दर्जाचे जाले. असो एकेभाशेन विचार मनांत येतालो. जाल्यार दुसऱ्या खिणांत मन दुसरेभशेन विचार करतालें. वेद, उपनिषद, शास्त्रपुराण, खंयूय पळयल्यार हांगेलेंच वर्चस्व. भूसूर खंय. प्रपंचाचे तेच देवता खंय. तांणी जें बरयलें तेंच शास्त्र जालें. आमी शूद्र जाले. आमी फकत कश्ट करपाचे आनी तें खावपाचो अधिकारूय तांगेलो. रंगाचार्लु, शेषाद्रि अय्यर, विश्वेश्वरय्या, मिर्जासायबूच एक वेगळे. आर्काट लेगीत. पूण हे दोगूय आमगेले न्हय. तेवूय एकतरेचे ब्राह्मणूच. सगळो अधिकार पळयल्यार तांगेलोच. गांवातली सगळी शानभोगिका तांगेलीच. हां एक गजाल याद जाली. शानभोगिका नश्ट करपाचो कायदो काडटात म्हणटाले. ताका कळाव कित्याक करतात? चीफाक याद करपाक जाय. हांगेले जातीचे एके चलयेकडेन गडगडाटान लग्न करून पेपरांत छापून, बेंगळूरांत आपले मिनिस्ट्रीच्या सगळ्या ब्राह्मण ऑफिसरांक रिसेप्शनाक आपोवपाक जाय. ऑफिसर आनीक कित्याक? अशेंय सारकें, तशेंय सारकें. हांसत हांसत आपल्या बायलांवांगडा येतले आनी अभिनंदन करून वतले. झगड्याक थोडेच तयार जातात हे चेडयेचे!

पूण ह्या लग्नान आमगेल्या खेड्यांतलो रयत समाज कितें समजतलो! आपले जातींत चली मेळनाशिल्ली म्हूण ब्राह्मणाची चली हाडली अशें म्हणून

लोकांनी चाळयल्यार? आपूण जर एके व्हड भावनेन हें करपाक गेलों आनी ह्या लोकांनी उरफाटो अर्थ लावन घेतलो जाल्यार त्रास जातले. आमगेल्या लोकांक तर अक्कलूच ना. मेंढरांभशेन. नाजाल्यार हे शूद्र कित्याक म्हणून घेताशिल्ले? हजारांनी वर्सांसावन शूद्र जावन आसात. हांकां अक्कल आशिल्ली जाल्यार ब्राह्मण जावचे नाशिल्ले? तें नाका जाल्यार क्षत्रिय तरी जाताशिल्ले. कांय हरकत ना. आतां जागृताय येता. पूण तितल्यान पुरो जायना. कुड्डो विस्वास सोडचे नात. आनी तो सोडलो ना जाल्यार हे मुखार सरचे नात. तशें जाल्यार तशें जावं. जर लग्न घडोवन हाडपाक जाय जाल्यार आमगेल्या तालुक्यांतल्या, आमगेल्या कॉनस्टिट्यूयेन्सींतल्या रयताच्या मुखेल्याक आपोवन तांकां सांगून तांगेल्याच फुडारपणाखाला तांच्या हातान हें लग्न जालां अशें करूंक जाय. ब्राह्मण पुरोयताक आपोवन संस्कृत मंत्र उच्चार करपाक लावपाचें. आमचेभशेन 'बळगधारे' रितीन लग्न करून जातकीच, उश्टें खातकीच तें आमगेले जातीचें जालें ना?

पूण... अशें म्हणून ताचो विचार दुसरेवटेन वचचेपयलीं काळेगौडा भितर आयलो. ताचेवांगडा तालुका बोर्डाचे अध्यक्ष बोरनिंगेगौडाय आयलो.

येयात, येयात, अशें म्हणत मंत्री उठून उबो रावलो. 'अरे काळप्पा, तांकां हातपांय धुवपाक उदक दियात.'

'नाका, जेवन आयलां.'

'कित्याक? एक दोन घांस खावन घेयात.'

'नाका.'

'हांव थंय पाविल्लों तेन्ना तांचीं जेवणां चलतालीं. हांवूय थंयच जेवन आयलों.' अशें काळेगौडान म्हणलें.

'तशें जाल्यार ड्रायव्हराक जेवण वाड. म्हाका आनी बोरनिंगप्पांकूय माळयेर हातरुणां घाल.'

बोंरनिंगेगौडान व्हडल्या धनयाचे बाजयेक माथें तेंकोवन तांगेलो आशिर्वाद घेतलो. मागीर दोगूय माळयेर न्हिदपाक गेले.

## 4

बोरनिंगप्पा आनी मंत्र्याचीं मध्यान रातमेरेन उलोवणीं चलिल्लीं. खंयच्या गांवाचो कल खंयचेवटेन आसा, खंयच्या गांवचे लोक खंयचे जातीचे? खंयच्या भागांत खंयचे जातीचो नेट आसा हें सगळें तांणी मनांतल्या मनांत

गणित केल्लें. आमी योग्य वेळार पावल उखल्लें तेखातीर भिवपाची गरज ना, अशें सांगून दोगांकूय दोळे धांपता म्हणसर अर्दी रात जावन गेल्ली.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं तोंड धुवन कॉफी घेतकीच रोखडेंच वेंकटेशाक आपोवणें धाडलें. वेंकटेश आयलो. तागेल्या चेहऱ्यावयल्यान तागेलीय न्हीद सारकी जालीना अशें दिसतालें.

'यंग्टेशा, भलायकी बरी ना काय कितें?' अशें म्हणून ताका आपले बाज्जेर शेजरा बसोवन घेतलो आनी भितर आड्डी मारून सांगलें, 'ये, यंग्टेशाखातीर दूद घेवन येयात पिवपाक!'

'कित्याक? तो कॉफी पिना?' सकयल जमनीचेर घाल्ले गादयेचेर शाल पांगरून बशिल्ल्या बोरनिंगप्पान विचारलें.

'आमचो यंग्टेश तसलो भेद-भाव पाळिना. बेंगळूरांत आयल्यार तो आमगेर कॉफी-खावपाक घेता. पूण हो गांव न्हय. आमगेल्याच घरांतले कोणूय भायर वचून उलयतले. गांवात आसा तो तांगेलो व्हडलो ब्राह्मण समाज. पुरातन काळासावन देव पूजेचें काम तांच्याच हातांतल्यान जाता.' अशें मंत्र्यान म्हणलें.

'कशें? अकस्मात येवप जालें?' अशें वेंकटेशान विचारलें.

'तुजी आनी आमगेल्या बोरनिंगप्पाची वळख करून दिवपाखातीर आयिल्लों हांव. अप्पा कशे आसात?'

'बरे आसात.'

'काल बेंगळूरचे बशींतल्यान ते गांवात परतल्ले?'

'हांगाच कुणिगलाक गेल्ले. आमगेल्या सोयऱ्याचें कार्य आशिल्लें खंय.'

'तुका चलो जाला म्हूण आयकलें. आमकां लाडू-बिडू कांय ना?' अशें वयलेवयर आपलेपणाचीं कांय उतरां उलोवन उपरांत मुखेल प्रस्नाकडेन वळ्ळे. पळय सायबा, आमगेल्या बोरनिंगप्पांक तारतलो काय बुडयतलो?'

'जें काम सायबांच्या हातांतल्यान जायना तें म्हजेकडल्यान कशें जातलें?'

'तशें न्हय. अशें आयकलां, कसबा नारायणराय उबे रावल्यात खंय. आमी दोगूय इश्ट. म्हाका दोगांय भितर तेवूय जिखल्यार तितलेंच आनी बोरनिंगप्पा जिखल्यारूय तितलेंच. पूण बोरनिंगप्पा हे आमगेले. तांकां हांवें उतर दिलां. शिवगेरे, हेग्गुंट, तिम्मनकेरे ह्या भागांत तांकां बरो प्रतिसाद आसा खंय. थंयचे ब्राह्मण तांचेवटेन आसात खंय. विठलापूर भागांत तुमगेलें मावोडें. तांकां सांगून ब्राह्मणांची मतां हांकां पडटलीं अशें करता?'

'सगळे ब्राह्मण एकठांय केल्यार लेगीत एक टक्को जावचे नात. इतल्यानूच कसलो फरक पडपाचो आसा? गणित करपाक न्हय. ताणें कितें जावपाचें आसा? सोड.'

'तशें न्हय ह्या ब्राह्मणांभितर कांयजाण नारायणरायाचें काम करतात. आनी हेरांचीं मतां ताका मेळोवपाचें पळयतात. ती मतां हेवटेन वळोवपाक मेळटलीं.'

'पळयात, इलेक्शनांत कितेंय करून दाखोवपाची ताकद आशिल्ले तीन-चार जाण आसात. जांच्या घरांत आनीक स म्हयने पावतले इतले तांदूळ आसात. तसले हे लोक. उरिल्ले लोक दनपारचें मेळ्ळ्यार रातचें जेवण मेळनाशिल्ले. सांजेक मेळ्ळ्यार सकाळचें मेळनाशिल्ले. असल्या लोकांकडेन सांगपाक गेल्यार म्हणटात, 'तुमगेल्या मंत्र्याक सांगून आमगेल्या चल्याक प्रायमरी स्कुलांत मास्तराची नोकरी मेळोवन दितले? आमकां वचन दियात. आमी मतां दितात.' तांकां एक फावटी उतर दिलें जाल्यार तें पाळपाक जाय. तें कशें शक्य आसा?'

आमी शेंदरेपोंदा घुसले जाल्यार हो रांगोळेच्या सकयल घुसतलो हें मंत्र्याच्या लक्षांत आयलें. पूण आतां ताची मजत घेतलेबगर काम जावचें नाशिल्लें. तो म्हणपाक लागलो, 'शक्य जाता तितली जनसेवा करपाक आमी मुखार आसातच न्हय? पूण सरकारी कायदे, नेम विंगड आसतात. तरिकूय म्हाका जमतली तितली मजत हांव करतलों.'

हाचो अर्थ ना समजुपाइतलो वेंकटेशूय कच्चो नाशिल्लो. पूण आतां चड ताणून धरपांत अर्थ ना हेंवूय ताका समजतालें. ताणून धरपाचीय शक्त आपलेभितर ना हाची ताका जाणविकाय आशिल्ली. 'आमगेल्या भागांतूय तुवेंच काम करपाक जाय. तूंच इलॅक्शन मॅनेजर' अशें मंत्र्यान मुखार म्हणलें. 'नारायणराय तुमच्यांतलेच. ताचे विरुद्ध कशें काम करपाचें हाचो हुस्को तूं करूंनाका. बोरनिंगप्पा उबे रावचे पयलीं तुवें उबो रावपाची तयारी दाखयिल्ली जाल्यार हांव तुकाच उबो रावयतलों आशिल्लों. जाय जाल्यार मजतूय करतलों आशिल्लों. खरें न्हय?' अशें म्हणून मंत्र्यान बोरनिंगप्पाचें तोंड पळयतकीच 'जाय जाल्यार हांव आतांच फाटीं घेवंक तयार आसां.' अशें ताणें म्हणलें.

नॉमिनेशनाची तारीख पयरूच जावन गेल्ली हें वेंकटेशाकूय खबर आशिल्लें. पूण ताणें तें सांगलें ना. ताणें म्हणलें, 'वेंचणुकेक उबे रावप्यांचो पंगड आनी उबे राविल्ल्यांच्या नांवान 'जय' म्हूण आड्डी मारप्यांचो एक पंगड. कितलेंय केल्यार हांव दुसऱ्या पंगडांत पडटां. मोर नाचलो म्हूण किरकावळो नाचलो

जाल्यार कशें? आशिल्ली नाशिल्ली चार एकर जमीन वगडावन तो नारायणराय सोशलीस्ट जातलो पळयात.'

वेंकटेशाच्या निमाण्या वाक्यान मंत्री आनी बोरनिंगप्पा - दोगांयच्याय चेहऱ्यांचेर प्रसन्नता पातळ्ळी. सांगपाचें म्हणल्यार वेंकटेशान तो बोरनिंगप्पाच्या पक्षाचें तन-मन-धनान काम करतलो म्हणपाचें एकेतरेन मानून घेतिल्लें. इतल्यांत साकर घाल्लें एक पेलो भरून दूद भायर हाडून दिलें. मंत्र्यानूच तें वेंकटेशाच्या हातांत दिलें. ताणें पेलो तोंडाक लायलो. दूद पिवप म्हणल्यार उतर दिल्लेवरीच. मंत्र्याक गांवांत कांयकडेन वचून येवपाक जाय आशिल्लें. तांगेलें खाड, न्हाण सगळेंच जावपाचें आशिल्लें. वेंकटेश निरोप घेवन घराकडेन आयलो.

मंत्र्यान आपोवणें धाडलां म्हणून वेंकटेश थंय गेला हें वेंकटरमणय्याक खबर आशिल्लें. तेखातीर तो उमळशिकेन ताची वाट पळयतालो. येतकीच रोखडेंच ताणें विचारलें, 'कितें म्हणटालो तो?'

'तूं कित्याक विचार करता ताचो? बोंरनिंगप्पाक वेंचणुकेंत मजत आनी काम करून दिवपाखातीर निरोप धाडिल्लो.'

'आनीक सत्याचो विशय?'

'हांवें सांगूंक नाशिल्लें, हें कितलेंय नाचलें तरी ते करून घेवचे नात म्हूण. जाय जाल्यार बरोवन दवरात.'

'पूण तांणी परस्पर लग्न केलें जाल्यार? सरकारी कायदो -' तागेलीं उतरां मदींच आडावन वेंकटेशान म्हणलें, 'तो सरकारी कायदो पडलो पाड. तुमी अनवाळें न्हेसून जेवन घेयात. तुमकां ह्यो गजाली कळनात. काल रातींय तुमी जेवले नात.' अशें म्हणत वेंकटेश मान्याकडेन गेलो.

## 5

मंत्री बोरनिंगप्पा वांगडा शिवगेरेक गेले. गांवांत मोटार आयल्या, मंत्री महोदय आयल्यात म्हूण गांवातलो लोक उमेदीत जाल्ले. गांवांतलीं भुरगीं मोटारीच्या चकचकीत पत्र्याचेर आपापलीं तोंडां पळयत नाचतालीं. मंत्री आनी बोरनिंगप्पा गांवातलो पटेल लंकेगौडाच्या घराकडेन गेले. शिवगेरे तिरुमलापूरा इतलोच व्हडलो. पूण तितलो पोरणो न्हय. आनी तितलो फामादय न्हय. पाळेगारानी तांच्या काळांत बांदिल्लो गांव असो लोकांनी सांगिल्लो इतिहास आसा. पूण शासनांत तशी म्हायती रुजू जाल्ली ना. सुपीक जमीन, वेवस्थित उदकाचो सांठो, गांवाभोंवतणीं खूब माडांच्या मदेकांत आशिल्लो गांव.

स्वता मंत्री आयिल्ल्याची बातमी कळटकीच अर्दवराभितर गांवातले मुखेल लोक आनी शेतकार लंकेगौडाच्या घराकडेन भितरल्या आंगणांत एकठांय जाले. वण्टीकडेन दोन कदेलां दवरिल्लीं तरीय मंत्री सकयल सगळ्यांवांगडा बसले. सगळे लोक एकठांय जातकीच उठून उबे रावन भाशण केलें. 'शेतकार भावांनो, हांव भाशण करपाक आयलों ना. तुमगेल्या हिताखातीर, चार गजालींविशीं उलोवपाखातीर उबो रावलां. बोरनिंगप्पा वांगडा आयलां म्हूण ताका मत दियात म्हूण सांगपाक आयलां अशें समजूंनाकात. तागेलें जिखप वा हारप तितलें म्हत्वाचें न्हय. आमगेल्या समाजाची परती तशी कुंवाळ्याची काणी जावची न्हय इतलेंच. आनी आमगेल्या बायलांच्या गळ्यांतलें मंगळसूत्र परतें हिसकावन घेवचें न्हय हेंच म्हाका सांगपाचें आसा.'

मुखार कुशीन बशिल्ल्या बावीस-तेवीस वर्सांच्या एका तरणाट्यान शेजरा बशिल्ल्या जाणटेल्याक विचारलें, 'ही खंयच्या कुंवळ्याची काणी?' सामक्या ल्हव आवाजांत विचारिल्लो प्रस्न जूस्त मंत्र्याच्या कानार पडलो. ताणें म्हणलें, 'तुमी ल्हान भुरगे. तुका कांय खबर ना. आपलो इतिहास आपल्याक खबर आसूंक जाय. कोणाचो रे तूं?'

'कोप्पलमने मरियण्णाचो चलो' अशें शेजरा बशिल्ल्या लंकेगौडान सांगलें.

'मारिगौडाचो चलो? तुमकूरांत शिकता? खंयच्या वर्गांत आसा?'

आपल्या बापायचें नांव इतलेंच न्हय तर आपूण शिकतां त्या गांवाचें नांवूय मंत्र्यान लक्षांत दवरिल्लें पळोवन तो तरणाटो अभिमानान फुलल्लो आनी ताणें सट्ट करून उतर दिलें. 'ज्युनियर बी.एस्सी.'

'गूड! इतिहास वाचिल्लो जाल्यार कळटाशिल्लें. पूण हांवूच सांगता राव. श्रीराम वनवासाक वतकीच, दशरथ राजा संवसाराक अंतरतकीच भरतान राज्य केलें. मंत्री सुमंतान कितली विनवणी केली. पूण भरतान कर-वसुली केली ना. शेतकारांचे पयशे हिसकावन घेवन गरिबांक कित्याक त्रास दिवपाचो? अशी धर्म-बुद्द आशिल्ली भरताची. अशें केल्ल्यान शेतकार गिरेस्त जाले. युद्ध जालें. रावणाक मारून राम अयोध्येक परतलो. व्हडा दबाज्यान पट्टाभिशेक करपाक जाय जाल्यार खूब पयसो जाय आशिल्लो. वचून पळय जाल्यार खजिनो रिकामो आशिल्लो. रामान विचारलें 'भरत, कळंतराच्या रुपांत आयिल्ल्या पयशांचे कितें जालें?' भरतान सांगलें 'कळंतर वसूल करून घेतलें ना. सदां चार फुलां तुगेल्या पादुकांचेर दवरून पुजा करतालों.'

शेतकार भाव सुखांत रावतात तें पळोवन ब्राह्मणमंत्री सुमंताक नसाय जाली. 'प्रभू, हांवें ताका पयलींच सांगिल्लें. तुगेल्या भावान आयकलें ना. आतां तूं तरी आयकून घे.' ताणें रामाक कुतंत्र शिकयलें. तेप्रमाण रामान सगळ्या शेतकारांक आपयले. जण एकल्याक एकेक कुंवाळ्याची बी दिली. आनी सांगलें, 'पळयात हांवेंय एक बी दवरून घेतल्या. हांव ही बी रोयतां. तुमीय रोयात आनी ताका कुंवाळो जाल्यार हाडून दिवंक जाय. नाजाल्यार शिरच्छेद करतलों.'

शेतकाऱ्यांचो सभाव विस्वासू. तांणी सारकें निरीक्षण केलें ना. तांकां दिल्ल्यो बियो सगळ्यो सुमंतान भाजिल्ल्यो. तांणी आपाआपल्यो बियो व्हडा श्रद्धेन रोयल्यो आनी ताका सारें-उदक घालें. पूण बियेक कोंब आयलो ना. रामान रोयिल्ली बी मात किल्लली आनी ते वालीक व्हडलो कुंवाळो जालो. उपरांत कांय दिसांनीं रामान, 'सगळ्यांनी कुंवाळे हाडपाक जाय ना जाल्यार ताचेबदला भांगर हाडपाक जाय.' अशी दवंडी पेटयली. शेतकार आयले 'प्रभू, आमी खूब कश्ट केलें, पूण बियेक आंकरी आयली ना.' अशें तांणी सांगलें. पूण राम आयकता? रामान आयकल्यार दुश्ट ब्राह्मणमंत्री सोडटा? शिरच्छेदाचो भंय घाला. जण एकलो शेतकार कुंवाळ्याच्या वजनाचें भांगर खंयच्यान हाडटलो? घरांतलें सगळें भांगर एकठांय केलें पूण कुंवाळ्या इतलें वजन जालें ना. निमणें त्या गरीब शेतकरांनी आपापल्या बायलांच्या गळ्यांतलें मंगळसूत्र हाडून दिलें. तेन्ना तो ब्राह्मणमंत्री शांत जालो. अशे तरेन सुमंतान शेतकारांक लुटले.

बी.एस्.सींत विज्ञान शाखेंत शिकपी तो चलो भारत देशांतल्या शेतकारांचो हो इतिहास एकाचित्तान आयकतालो. तागेल्या दोळ्याची पाती लेगीत हालनाशिल्ली. मंत्र्यान उलोवपाक तोंड उक्तें करचे पयलींच भागवत चिन्नेगौडा उठून उबो रावन उलोवपाक लागलो. चिन्नेगौडा पंदरा यक्षगान तोंडपाट आशिल्लो विद्वान. ताणें बसयिल्ल्या 'कृष्णार्जुन युद्ध' ह्या यक्षगानाक म्हैसूर दसऱ्याच्या उत्सवांत प्रदर्शनात हजर रावपाचो मान मेळिल्लो.

'मूळकथा तशी ना. मंत्री सुमंताचें नांवूय थंय येना. श्रीरामान भाजिल्ल्या बियांचो उल्लेखूय ना. बऱ्यो बियोच दिल्ल्यो. पूण अहंकारान मस्त जाल्ल्या शेतकारांनी ताका फावो तशें सारें-उदक घालें ना. निमाणें श्रीरामचंद्राच्या कुंवाळ्याचेर अंजनेय जळाराचें रूप घेवन बसलो. शेतकारांनी दुसऱ्या दाल्यांत भांगराचीं दातीं, आयदनां, कोळसुल्यो आनी कितल्योतरी वस्तू घालून पळयल्यो. पूण रामाच्या कुंवाळ्याचें दालें सकयलच रावलें. तेन्ना रामचंद्रान

म्हणलें, 'तुमगेल्या बायलांचें मंगळसूत्र घालून दालें सारकें करात.' आनी तांणी आपापल्या बायलांच्या गळ्यांक हात घालो. हाचो अर्थ असो. अहंकारी शेतकारांची मस्ती देंवोवपाखातीर अशें केलें पूण उपरांत जण एकल्याचें भांगर ताचे ताका परतें केलें आनी रामराज्यांत कोणाच्याय दोळ्यांतल्यान दुकां येवचीं न्हय अशी तांकां आज्ञा दिली.'

ह्या भागवत चिन्नेगौडांक वेव्हारगिन्यान कमी आसा हाची जाणविकाय आशिल्ल्या पटेल लंकेगौडान म्हणलें, 'ये, भागवत. तोंड धापून ओग्गी बस. तुका हांगा कोणे कथा सांगपाक आपयलो ना.' चिन्नेगौडा तोंड काळें करून सकयल बसलो. पूण आपल्याक खबर आशिल्ले कथेविशीं ताचो विस्वास ढळमळीत जालो ना. सकाळीं उठनाफुडें तालुका मुख्यालय तावरेकेरे बसस्टँडावयल्या हॉटेलांत वचून सांबार खावपाची संवय लागिल्ले शिंगेगौडा मदींच म्हणपाक लागले. 'भागवतान सांगलें म्हूण कितें जावपाचें आसा? हें सगळें फट. कुंवाळो घाल्लें ताकांतलें तोंडालावणें बरें लागता. आमी रयत कुंवाळो खावंक लागले जाल्यार आमकां कुंवाळो खावंक मेळचो ना म्हूण ब्राह्मणान खंय ही कथा सांगिल्ली. हॉटेलकार कृष्णभटान अशेंच सांगलें. उडपींत ही काणी ना खंय. आता हेवटेनूय सगळे रयत कुंवाळ्याचें रांदप करतात.'

पटेल लंकेगौडाक धरून पांच-स जाण सोडले जाल्यार मंत्र्यान सांगिल्ले कथेचो अर्थ कोणाकूच कळ्ळो नाशिल्लो. भागवत चिन्नेगौडा आनी शिंगेगौडाक तापोवन दोन फुलोवचीं अशें मंत्र्याक दिसलें. पूण ताणें स्वताक आवरलें. ह्या रयतांक इतली अक्कल आशिल्ली जाल्यार आमगेले रयत कित्याक इतले फाटीं उरतले आशिल्ले? वेंचणुको तोंडार आयिल्ल्यो आसतना तिडक दाखयतकीच हार घेवची पडटली हें ताका खबर आशिल्लें म्हणून ते आनीक वाटाघाटी करिनासतना शांततायेन परते उलोवंक लागले. प्रत्येक भागांत एकेक कथा विंगड विंगड तरेन सांगप जाता. तातुंतली खंयचीय कथा घेतली जाल्यार ताचो सारांश कितें? पयलींसावन रयतांक हेर लोक सोलून खाताले आनी आतां लेगीत परिस्थिती तीच आसा. ब्राह्मण मंत्री आसूं वा क्षत्रिय राजा आसूं. आमचे शिंगेगौडा म्हणटात तशे ही काणीच फटिची आसून कुंवाळो आमकांच मेळचो म्हूण ब्राह्मणांनी घडयिल्ली कथा आसुंयेता. अज्ञानी रयत भावांक सोलून खावपाखातीर ह्या ब्राह्मणांनी पुराण-कथा तयार केल्यात. हें फट न्हय. आमचो समाज खंयच्याय कारणाक लागून परावलंबी उरचो न्हय. देश स्वावलंबी जावंक जाय. अशें नेहरू म्हणटात. तशेंच रयत समाजानूय परावलंबी आसपाक

फावना. आमगेल्या समाजांतल्या लग्नाखातीर लेगीत ब्राह्मण पुरोयताक कित्याक आपोवंक जाय? आमीच आमचे पद्धतीन लग्नां केलीं जाल्यार भुरगीं जावचीं नात काय कितें? हजारानीं वर्सांसावन तांणी काळीज पोखरून खालां. गुरू म्हूण तांची पुजा केली ती पुरो जाली. आमगेलोच मठ आमी स्थापन करुंया. आमच्योच स्कूलां-कॉलेजी सुरू करुंया. इतलें करून चलचें ना. आमीच राज्य करपाक जाय. राजेशाय गेली. आतां देश प्रजासत्ताक जाला. तुमकां खबरूच आसा. तुमकां हेंय खबर आसा, हांव महात्मा गांधीजींच्या आश्रमांत रावतालों. कादयेंत वचून आयलों. प्रजासत्ताक राज्य करपाखातीर कितले त्रास काडले हाचें तांकां मात लेगीत वायट दिसना. इतलें सगळें कित्याक? आमचे रयत भाव शूद्र जावन रावनासतना आपली उदरगत करून क्षत्रिय जावंक जाय. राज्य करपाक जाय. वेंचणुकेंत रावन जिखूंक जाय इतलेंच-' अशें म्हूण ताणें सुमार एक वर भाशण केलें. बी.एस्सी मेरेन शिकिल्लो नंजुंडेगौडा गुल्लजावन भाशण आयकतालो. हेरूय व्हडा उमेदीन भाशण आयकून व्हडले पटेल तिरुमलेगौडाच्या पुण्यायेचें गुणवर्णन करताले. मंत्र्याचें भाशण जातकीच बोरनिंगप्पा उलयलो. 'म्हजें जिवीत रयत समाजाखातीर ओपलें.' अशें तांणी उलोवपांत सांगलें.

## 6

हेर मुखेल गांवांनी भेट दिवन मंत्री बेंगळूराक गेले. तेन्ना तांच्या मेजार मंत्र्या जिल्ल्यांतलो फामाद मनीस नागेगौडाचें पत्र आशिल्लें. पत्राचेर इंग्लिशींत 'पर्सनल' अशें बरयिल्ल्यान तांगेल्या पी. ए. न पत्र फोडूंक नाशिल्लें. पत्रांतलो मजकूर कळ्ळो नासलो तरी ताची अपेक्षा आशिल्ली.

मंड्याचे आमदार केंपण्णगौडा मंत्र्याक संवकळीचे आशिल्ले. दोगूय एकेच पिळगेंतले आशिल्ले. दोगांयची संपतूय तोलामोलाची आशिल्ली. केंपण्णा हें एक व्हडलें कूळ आशिल्लें. सुमार शंबर एकर जमनीचे धनीय आशिल्ले. तेचबराबर साकरेच्या कारखान्याचे वांगडीय आशिल्ले. तांच्यो धा बशी - गाड्यो मळवळ्ळी, तिरुमकूडलु, नरसीपूर ह्या भागांत धांवताल्यो. तांगेली दुसरी चली चि. सौ. कां. कुमुदिनी मंड्या कॉलेजींत इंटर शिकताली. सुंदर दिसताली. मंत्री मेलगिरीगौडाच्या मनांत विचार आयलो, आपल्या चल्याकडेन ते चलयेचें लग्न करपाचें. मुखार ताचो बरोच फायदो जातलो. हाची जाणविकाय दवरून ताणें आपलें उतर घाल्लें आनी कितें तें बेगीन कळोवंक सांगिल्लें.

मंत्र्यान पत्र वाचून ताची घडी करपाच्यावेळार श्रीनिवास भायर गेल्लो तो घराकडेन आयलो. अप्पा निकतेच गांवांतल्यान बेंगळूरांत पाविल्ले. मोटारीचेर पडिल्ल्या धुल्लावयल्यान ताच्या लक्षांत आयलें. दोगूय वांगडाच जेवले पूण श्रीनिवासान आपूण जावन सत्याचो आनी आपल्या लग्नाचो विशय काडलो ना. जेवण जातकीच रोखडोच तो आपले कुडींत गेलो. मंत्र्याचो न्हिदपाचो वेळ रातचो सुमार इकरा-बारा वरांचेर. पूण आयज मात तांकां पुरो जाल्लें. तेखातीर आपूण परतो आयिल्ल्याची खबर ताणें फोनावयल्यान कोणाक कळयलीना. आपले कुडींत वचून न्हिदलो. पूण ताका न्हीद लागली ना. सदांचो वेळ जालो ना हें ताका खबर आशिल्लें. म्हूण ते बेश्टेच हेवटेन तेवटेन कूस परतीत रावले. बारा जालीं तरी ताका न्हीद लागली ना. घोव न्हिदनासतना कूस परतीत आसा तें शेजरा बाजयेर न्हिदिल्ले रंगम्माक जाणवलें.

तिकाय न्हीद पडूंक नाशिल्ली. निमाणे तिणेंच विचारलें, 'मल्लेशाच्या लग्नाचें कितें करपाचें थारायलां?'

श्रीनिवासाचें जल्म नांव तिरुमलेगौडा आशिल्लें. कॉलेजींत वतकीच ताणें श्रीनिवास म्हूण बदलून घेतिल्लें. पूण घरांत ताका मल्लेश म्हूण उलो मारताले. तिरुमल हें तागेल्या आज्याचें नांव. ते स्वता घरांत आसतना त्या नांवान, तेंवूय एकोड्या नांवान चल्याक उलो मारपाक मुरवत दिशिल्ल्यान निमाणें तीन अक्षरांपैकी 'ल' क 'ल' जोडून घरांत उलो मारप जातालें. नवें नांव भायर वापरांत हाडलें तरी घरांतलें पोन्नें नांव तशेंच उरलें.

'हं, कितें करपाचें तें तूच सांग.'

'हांव कितें सांगतलीं? व्हडल्या धनयान कितें म्हणलें?'

'ते कितेंय म्हणू! पयलीं तुगेलें मत कितें आसा तें सांग.'

'तुमी सगळ्यांनी हयकार दिला जाल्यार म्हाका कितें?'

'तुगेलें हें अर्दकुटें उलोवप नाका. लग्न करपाचें म्हणटा काय ना? तुका कितें दिसता तें स्पश्ट सांग.' अशें मंत्र्यान म्हणलें.

'एकलोच चलो, ताणें जिवाचें बरें-वायट केलें जाल्यार कितें करपाचें? ताचेकडेन लग्न जावंदी ताका.'

'जीव दितां अशें म्हणलां ताणें?'

'हं'

'पूण तें ब्राह्मणाचें चली कशें आमगेल्या घरांत रावन संवसार करतलें?'

'हांवें परतें परतें विचारलें. सगळ्या कामाक तें तयार जालां. मांस मात

खावचें ना. हेर सगळें करतलें. तुमी कितें म्हाका वळखनात? ह्यो जाती सगळ्यो फट अशेंय तें सांगतालें.'

'तूं ताका मेळपाक गेल्ली?'

'तेंच आयिल्लें आयज सकाळीं. मल्लेश ताका घेवन आयिल्लो.'

'तागेल्या पुरोयत बापायन कितें म्हणलें म्हूण सांगतालें?'

'तें कांयच सांगलें ना. ताणें कपाळ, माथें, हात फाटीचेर कापूस लावन बांदिल्ले. कितें जालें हाची चवकशी केल्ली. सत्यान सांगलें, सोंपण चुकून माळयेवयल्यान निसरून पडलें म्हूण जखमी जालें. हॉस्पिटलांत वचून वखद लायलें. पूण तें वतकूच मल्लेशान सांगलें, तागेलो बापूय काल आयिल्लो खंय. रागान ताका मारलें खंय. कितलोय जाल्यार बापूय. आयज मारल्यार फाल्यां विसरून वतलो. अशें सत्यान म्हणलें खंय.

'हं' म्हूण मंत्र्यान आपली कूस परतिली. परतें मंत्र्याचे बायलेन विचारलें. 'व्हडल्या धनयान कितें म्हणलें?'

'अं. म्हाका आतां न्हीद येता. तूंय न्हीद. फाल्यां सांगतां.' मंत्र्यान म्हणलें.

'बरें, फाल्यां सांगात. ना जाल्यारूय व्हडले धनी मांस खायच नात. आमीय सोडून दिल्यार मागीर प्रस्नूच ना.'

तो परतो कांयच उलयलो ना. तिणेंय दोळे धांपले. अर्द वरांत तिका न्हीद लागली, पूण मंत्री आनीक खूब वेळ कूस परतीत आशिल्लो.

दुसरो पुराय दीस मंत्री बोवाळांत आशिल्लो. पक्षाच्या मुखेल्यांची भेट घेवन ताका प्रवासाचो अहवाल आनी बोरनिंगप्पांच्या वेंचणुकेची खबर सांगपाक जाय आशिल्लें. मुखार कितें करपाचें हेंवूय थारावपाखातीर तांचें मत घेवंक जाय आशिल्लें. विधानसभेच्या आपल्या ऑफिसांत कसलें काम आशिल्लें तें सगळें काम सोंपोवन मंत्री घरा परतलो तेन्ना तांच्या मतदार क्षेत्रांतल्या कोलार भागांतलीं दोन व्हडलीं कुळां कामानिमतान आयिल्लीं. तांगेलीं कामां जातकीच जमनीचे मालकेविशीं तांच्यो गजाली जाल्यो. रातचे जेवपाखातीर ते उठले तेन्नाच धा वरां जावन गेल्लीं. जेवण जातकीच न्हिदूंक गेल्लेकडेन बायलेन आपूण जावन विशय काडलो ना. पूण तिचेकडेन उलोवप आतां योग्य अशें थारावन ताणेंच म्हणलें, 'हें पळय, आमी जें कितें करतात तें ताच्या हिताखातीरूच न्हय?'

'हं'

'आमकां ताचेबगर आनी कोण आसा?'

'सगळें कितें तें तोच.'

तागेर भुरगीं जल्माक आयिल्लीं पळोवपाक जाय काय नाका?' मंत्र्यान म्हणलें.

'हें कसलें उलोवप तुमचें? लग्न जावपाचें फकत भुरगीं जावंक जाय म्हूण.' बायलेन म्हणलें.

'तागेल्या बापायन लग्नापयलींच ताका व्हाणांनी फोडून काडलां. तें हटान श्रीनिवासाकडेन लग्न जातलें. पूण कितलेंय जालो तरी तो ब्राह्मण, देवळाचो पुरोयत. देवाक मंगळारत करतां करतां ताणें स्राप दिलो जाल्यार सत्याच्या पोटांत गर्भ कसो धरतलो?'

रंगम्मा भियेली, 'हांवें ह्या विशयाचेर येवजूंक नाशिल्लें. अशेंय एकाद्रें जावंक शकता. कित्याक जावचें ना? अशेंच जातलें. ब्राह्मणाचो स्राप बरो न्हय.'

मंत्र्यान भविश्यवाणी केल्लेवरी सांगलें, 'वयलेवटेचें उदक वयरूच व्हावंक जाय आनी सकयलें उदक सकयल्यानूच व्हांवपाक जाय. दोनूयवटेचें उदक एकठांय जाल्यार गांव उरतलो? घर सुरक्षीत उरतलें?'

मंत्र्याक रोखडीच न्हीद लागली. रंगम्माची न्हीद उडून गेल्ली. ती विचारांत पडली. मल्लेशाचें पत्र वाचनाफुडें मंत्र्याचें उलोवप पळयल्यार लग्नाक तयार आसा कशें दिसतालें. हांवूच कागाळ करतां म्हूण म्हाका समजायताले. तेन्ना ही मनांतली गजाल म्हाका उक्त्यामनान सांगली ना. कांयच विचार करिनासतना ताका परवानगी दिली. रंगम्माच्यान रावं नज जावन मंत्र्याक जागो केलो आनी विचारलें, 'त्या दिसा तुमी हयकार कित्याक दिल्लो?'

'बोवाळांत म्हजें ताचेकडेन लक्ष गेलें ना. काल रातीकडेन म्हाका एक सपन पडलें. तातूंत मल्लेशान ताचेकडेनच लग्न केल्लें. कितलीं वर्सां जालीं तरी ताका भुरगीं जालीं नात. म्हूण ताचें दुसरें लग्न करपाचें थारायलें. पूण तें चुतड ताका सोडीच नाशिल्लें. आवय-बापूय तागेलें दुसरें लग्न करतलो म्हूण ताणें ताका आवय-बापायकडल्यान वेगळायलो. सत्याचो बापूय तुका म्हणटालो, 'ब्राह्मणाचो स्राप कसो आसता कळ्ळें न्हय गौडम्मा?' कित्याक जाय ह्यो राटावळ्यो?'

रंगम्माचे नदरेन सपनांतल्यान स्पश्ट जाल्ली गजाल हीच खरी भविश्यवाणी आशिल्ली. घोवाक पडिल्लें सपन खरें म्हणपाचें. 'देवा, अशें जावपाक नाका.' अशें म्हूण न्हिदिल्लेकडल्यान तिणें हात जोडले. कांयवेळान घोवाक न्हीद लागली. खूब वेळ त्याच विचारांत बुडून वतकीच रंगम्माकूय न्हीद लागली. कांय वेळान तिकाय सपन पडलें. मल्लेश ताचेकडेनूच लग्न जाला. कितलीं वर्सां

जालीं तरी भुरगीं जालीं ना. व्हडल्या धनयाचो मर्णकाळ लागीं पाविल्लो. ते तिचेर आड्डताले, 'करपाक जायना तें करूंक गेल्यार जावपाचें न्हय तें जाता, खबर ना तुका? ह्या लग्नाक तुवें कित्याक हयकार दिलो? आतां म्हजे वंशाची वाल हांगाच तुट्टली. कोणाची चूक ही?' आनी तो ब्राह्मण आड्डतालो, 'पाळेगाराच्या घराण्यान म्हजें घर भश्टीलें. तांचो निर्वंश जावंदी-' अशें देवळांत उजव्या हातांत मंगळारत आनी दाव्या हातांत घांट वाजयत स्राप दितालो. तिरुमलापूराच्या देवाचो चेहरो ते मंगळारतेच्या उजवाडांत धगधगतालो. रुप्याचें नाम, रुप्याचे दोळे, माथ्यावयलो मुकूट -'आतां हांव ह्या गांवांत रावचो ना. हें देवस्थान भुंयसपाट करून दुसऱ्या गांवात वतां.' आंगार भार येतकीच अम्माचो पुजारी देव सांगता तशें सांगून पांय आपटिता. देवळा फाटलेवटेनची वणत कोसळटा -

इतल्यांत रंगम्माक जाग आयली. म्हज्याय सपनात हेंच आयिल्लें. करचें न्हय तें काम करूंक जायना. तिका अकस्मात याद जाली. देवळाची वणत खऱ्यांनीच मोडिल्लेवरी दिसताली. ताका तात्पुरतो आदार दिल्ल्याचीय याद जाली. तितलें करून पुरो जायना. विंगड वणत बांदूंक जाय. ती उठली. देवाचो फोटो दवरिल्ले कुडींत गेली. फोटवाक हळद-कुकूम लावन ताचेमुखार एक चार आण्याचें नाणें दवरलें आनी तिणें हात जोडून प्रार्थना केली. 'जल्मदात्या, तुगेल्या पुरोयताची जात वगडांवक दिवची ना. मल्लेशाक बरी बुद्द दी. आमच्याच गौडा जातींतले चलयेकडेन ताणें लग्न केलें जाल्यार नवी वणत बांदतली. कितलोय खर्च जाल्यार जावं. हांव देवळांत तुजे मुखारूच तांगेलें लग्न लावन दितलीं. तुगेल्या पुरोयताच्या हातांतल्यानूच न्हवऱ्या-व्हंकलेक आशिर्वाद दिवपाक लायतलीं.'

कांयवेळान मन मात्शें शांत जालें. परतोय एक फावट फोट्याक मनांतल्यान नमस्कार करून ती परती हांतुणार येवन पडली. कांय वेळान तिका न्हीद लागली. ताचे उपरांत मात सपन पडलें ना.



# चार

## 1

वेंकटरमणय्या गांवांत वतकीच तिसऱ्या दिसा सकाळीं सत्या उठलें. ल्हवूच हात-पांय तोंड धुलें. फाट आनी भुजांवयल्या जखमांक आनीक आठ दीसमेरेन उदक लावं नाका अशी दोतोरान सुचोवणी केल्ल्यान पुराय आंग धुवप ताका शक्य नाशिल्लें. कपडे बदलून सकाळचो नाश्तो घेवपाखातीर हॉटेलांत वचपाक तयार जाल्लें. इतल्यांत श्रीनिवास आयलो. ह्या वेळार तागेलें थंय येवप अपेक्षेभायर आशिल्लें तरी तें सभाविकूच आशिल्लें. भितर येवन बाजयेर बसून तो म्हणपाक लागलो, 'काल सांजमेरेन आमी वांगडाच आशिल्लीं तरिकूय सकाळीं उठनाफुडें तुका मेळचेंशें दिसलें.'

'आशिल्लो मोग आतांच सोंपयतले काय मागीरचे खातीर इल्लोसो सांबाळून दवरतले?'

'म्हजो मोग शाश्वत ना अशें म्हणपाचें आसा तुका?' तागेले फाटीर हात थापटून श्रीनिवासान विचारलें. नकळत सत्याच्या तोंडांतल्यान उतरां भायर आयलीं, 'स्स! हाय'. अशें म्हणटकीच फाटभर जाल्ल्या जखमांची श्रीनिवासाक याद जाली, 'सॉरी, खूब दुखता?'

दोगांय मागीर नाश्तो घेवपाखातीर भायर सरलीं. तें पयलीं कुडींतल्यान भायर सरलें. तेन्ना वयल्या मजल्यावयल्यान बायलेवांगडा तिगेलो घोवूय आपल्या हॉलांतल्या जनेलांतल्यान चोरून पळयता हें सत्याच्या लक्षांत आयलें. सत्या फाटोफाट श्रीनिवासूय भायर आयलो. सत्यान दाराक कुलप लायलें आनी दोगांय सोपणांवयल्यान देंवन सकयल येतकीच सत्यान श्रीनिवासाक विचारलें, 'काल रातीं तुमगेलें बापायवांगडा उलोवणें जालें?'

'कितें उलोवपाचें? खरो विरोध आशिल्लो तो म्हजे आवयचो. आमगेलो बापूय खूब लिबरल आसा. आता आमगेलें लग्न जाल्ल्यांतूच जमा. आयजसावन तुगेले कुडींतच रावंक येतां.' अशें म्हणून श्रीनिवास हांसलो.

तागेल्या उलोवण्याचो भितरलो अर्थ जाणून घेवन सत्यान म्हणलें, 'लग्न

करून बायलेक घराकडेन व्हरपाची. पूण भाड्याच्या घरांत तिका दवरून थंयच आपूण येवन रावतां अशें दादल्यान म्हणप न्ही.'

'सामकें जंगली आसा तूं.' अशें म्हणटां म्हणटां ताका अकस्मात याद जाली आनी ताणें म्हणलें, 'आयज सकाळ सावन हें तुमी-आमी कित्याक सुरू केलां? कित्याक?'

'कित्याक म्हणल्यार?' सत्यान मोगान म्हणलें.

'तशें न्हय इतले दीस तूं म्हाका एकवचनान 'तूं' म्हणटालें.'

'इतल्या दिसांची गजाल विंगड आशिल्ली. काल तुमगेल्या आवयमुखार जर हांवें एकवचनी उल्लेख केल्लो जाल्यार कितें दिसतलें आशिल्लें तिका? आमच्या हांगां घोवाक बहुवचनान संबोधपाची पद्दत आसा न्हय?'

तो कांयच उलयलो ना. सत्यान मुखार म्हणलें, 'बायलेन बहुवचनी उल्लेख केल्यार गौडांची मान लांब तर जावची ना न्ही.'

'गौडा कित्याक म्हणटा?' ताणे कृत्रिम राग दाखोवन विचारलें.

'कित्याक? तुमी गौडा न्हय?' सत्यान विचारतकीच तो ओगी रावलो.

निमाणें सत्यानूच म्हणलें, 'तातूंत इतले रागार कित्याक जावपाक जाय? गौडा म्हणल्यार यजमान ह्या अर्थान म्हणिल्लें हांवें.' मागीर मात तागेल्या चेहऱ्याचेर हांसो आयलो. सत्यान म्हणलें, 'कितले बेगीन तूं उमेदी जालो! हें पळय, आमी दोगांय आसतना हांव तुका गौडा म्हणटलें. पूण तुगेलो घोवाचो नेट मात म्हाका दाखोवंनाका. पयलींच सांगून दवरतां. हांगा लोकशाय राजवट आसा म्हणलें.' सत्याच्या उलोवण्यान ताका हांसूक आयलें. सत्यान मुखार म्हणलें, 'तुगेल्या नांवामुखार गौडा लायिल्लें जाल्यार हांव केन्नाच लग्नाक तयार जावचें नाशिल्लें. जात दाखोवन दिवपी उतर आसा म्हूण न्हय. गर्व दाखोवपी टायटल आसा म्हूण.'

'आनी जर राव लायिल्लें जाल्यार?' अशें म्हूण श्रीनिवासान ताका तिडायलें.

'ब्राह्मणांत राव खंयच्यान आयलें म्हूण कोण जाणा - 'राय' वयल्यान 'राव' आयलां. 'राजा' वयल्यान 'राय' आयलां. ब्राह्मणाक 'राजा' म्हणप खंयच्यान आयलें? ब्राह्मणांतले पेशवे राज्य करतना आयिल्लें हें उतर कर्नाटकांतल्या ब्राह्मणांकूय आयलां काय कोण जाणा! हें उतर कशें आयलें हाचो सोद लावपाक जाय. कर्नाटकांतल्या ब्राह्मणांक पयलींसावन 'अय्या' म्हणटाले. हो मूळ शब्द 'आर्य' ह्या उतरांतल्यान आयला.'

'प्लीज, इतिहास आतां उस्तून काडूंनाका. उतर कशें आयलां हाचेकडेन म्हजो कांयच संबंद ना.'

'इतिहास नकळो जाल्यार समकालीन जिवितांत कितेंय करप शक्य ना. म्हज्या विशयाचो इतलो अपमान करूंनाका.'

'हें पळय, म्हाका वर्तमानकाळांत चड कितेंच मेळोवपाचें ना. आनी ह्या समकालीन जिवितांत कोण व्हड हें सिद्ध करपाक म्हाका नाका. तुजेकडेन लग्न जाल्यार पुरो.' अशें ताणें हांसत म्हणलें.

पूण तें हांसलें ना. गंभीर जावन तें स्वताकडेन उलोवंक लागलें. 'तेखातीरूय इतिहासाचें गिन्यान जाय.'

इतल्यांत हॉटेल आयलें. दोगांय माळ्यावयले फॅमिली रुमांत सोफाभाशेन आशिल्ल्या लांब कदेलाचेर बसलीं. वेटर भितर येवन ऑर्डर घेवन गेलो. सत्यान म्हणलें, 'गांवात कितें जालां. कांयच कळना. सांगपाचोय कोण ना.'

'खंयचो विशय?'

'आमगेले अप्पा कशे आसात म्हूण कोण जाणा! पळय, म्हाका समज आयली तेन्नासावन तांणी म्हजेर केन्नाच हात उबारलो ना. आवय नाशिल्लें चली म्हूण तांणी म्हाका मोगान वाडयलें. त्या दिसा तांणी म्हाका इतलें मारलें म्हणल्यार तांकां कितलो राग आयिल्लो आसतलो! गांवात वतकीच आपणें चलयेक इतली मारली म्हूण कितलो मनस्ताप जालो आसतलो.'

'ह्या लग्नान तांचें मन दुखावतलें हें तुका खबरूच आशिल्लें. आतां अशें दुबळेंपण दाखयल्यार कशें जातलें?'

'दुबळेंपण न्हय. मनांतली भावना.'

श्रीनिवास कांयच उलयलो ना. आपल्या उजव्या हातांत तागेलो हात घेवन ल्हवूच दामलो. श्रीनिवासाच्याच दोळ्यांत दुकां आयलीं. पळयतां पळयतां दुकां पोल्यांवयल्यान सकयल देंवलीं. ताचेकडेन वळून सत्यान आपल्या उजव्या हातान श्रीनिवासाचो हात धरून म्हणलें, 'तूंय म्हगेल्या अप्पाक ल्हानपणासावन वळखता. पूण तांचे विशीं तुगेल्या मनांत इतलें आसा हें म्हाका खबर नाशिल्लें. आतां ते रागार जाल्ले आसतले. पूण उपरांत तुगेले गूण कळटकीच तांकां उमेद जातली.'

पूण श्रीनिवासाच्या तळमळीचें कारण सत्याक कळ्ळें ना. मागीर श्रीनिवासानच म्हणलें, 'तुगेल्या अप्पांविशीं म्हज्या मनांत आदराची भावना आसा. पूण म्हज्या दुख्खाचें कारण मात वेगळें आसा.'

'कितें? उलय -' अशें म्हणत सत्यान श्रीनिवासाचे दोळे पदरान पुसले. त्याच वेळार वेटर पुरी- भाजी आनी दोन इडली-सांबार घेवन भितर आयलो. श्रीनिवासाक संकोच जालो. पूण सत्या भावनेच्या भरांत तागेले दोळे पुसत रावलें. वेटर जिनस दवरून परतो गेलो.

'प्लीज, सांग.' सत्यान नेट दिवन विचारलें.

'तुगेलो अप्पाचेर इतलो मोग आसा. तांकांय खूब राग आयला. अकस्मात तुगेलें मन बदल्लें जाल्यार म्हजी गत कितें जातली हें येवजलें म्हाका.'

सत्यान श्रीनिवासाचो हात आपल्या हातांत घेवन ल्हवूच दामत म्हणलें, 'अजूनमेरेन तुका म्हजो सभाव कळ्ळो ना? जें म्हाका योग्य दिसता तें हांव करतां. कोणेय विरोध केल्यार लेगीत हांव फाटीं सरना. ते ज्या वातावरणांतल्यान आयल्यात आनी ज्या समाजांत वावुरतात तातुंतल्यान हाचेपरस विंगड प्रतिक्रियेची अपेक्षा तरी कशी करपाची? तांकां राग येवप, वायट दिसप हातूंत अजाप दिसपासारकें कांयच ना. हें सामकें सत. पूण हातूंत म्हजो निर्णय बदलपाचो प्रस्नूच खंय येता?'

'कित्याक कोण जाणा! म्हजो आजून हाचेर विस्वासूच बसना.'

'खाण न्हिवता. हांगा इतलो वेळ बसून रावल्यार वेटर कितें म्हणटलो?' अशें म्हणत सत्यान इडलेची डिश श्रीनिवासामुखार धुकल्ली आनी पुरयेचो कुडको काडीत म्हणलें, 'तूं एक काम कर. आयजूच सब-रजिस्ट्राराच्या ऑफिसांत वच आनी डिक्लॅरेशन दिवन यो. तेखातीर हांवें थंय येवपाची गरज ना. आमी रजिस्टर पद्धतीन आनीक पंदरा दिसांनी सय करून मेकळीं जावंया. हातूंत कोणूच जाणटेले मोडटो घालूंक शकचे नात.'

सत्याच्या ह्या उलोवपान श्रीनिवासाक मात्शें बरें दिसलें. खावन जातकीच वेटराक कॉफी हाडपाक सांगून तो आपूण जावन म्हणूंक लागलो, 'म्हज्या घरांत लग्नाक हयकार दिला. शास्त्राप्रमाण लग्न करून दिवपाक घरचीं तयार आसतलीं. तुगेल्या घरच्या लोकांकडल्यान विरोध आसा न्हय? म्हगेल्या आवय-बापायन मान्यताय दिली जाल्यार परस्पर रजिस्टर लग्न करप म्हणल्यार तांकां वायट दिसतलें. बेश्टेंच कित्याक दुखोवप तांकां? जें कितें जावपाचें आसा तें शास्त्राप्रमाण जावंदी.'

'शास्त्र म्हणल्यार खंयच्या शास्त्राप्रमाण? ब्राह्मण पद्धतीन तीन दीस मंत्रांचो भरभर आयकुपांत कांयच अर्थ ना. कांयच मंत्र नासतना धा जाणांक आपोवन तितल्या पुरतें तुमगेले पद्धतीन विधी करपांतूय म्हाका व्हडलेशें तथ्य दिसना. आमी कशेयभाशेन लग्न केलें तरी म्हजे अप्पा आनी भाव काय लग्नाक येवचे

नात. कन्यादान करपी अप्पाच नासतना मुखावयल्या विधींक कांयच अर्थ ना. आमीच एकामेकांक पसंद करून आमच्याच जापसालदारकेचेर करपाचें हें लग्न. तेखातीर रजिस्टर लग्न करप खऱ्या अर्थान योग्य थारतलें.'

'पूण धा मनशां एकठांय जावंक जाय. म्हज्या बापायचो हांव एकलोच चलो. तागेले इश्ट, असेम्ब्लीचे हेर मंत्री, हांकां सगळ्यांक आपोवन जेवण घालपाची संद दिवंक जाय. तांणीच मान्यताय दिली आसतना तांकां कित्याक मनस्ताप दिवपाचो?'

इतल्यांत वेटर भितर आयलो आनी कॉफी वांगडा बिल दवरून गेलो.

'तुजी इत्सा, रजिस्टर लग्न करपाकूच जाय अशी म्हजी अट ना. तूं भियेल्लो म्हूण हांवें तशें सांगलें. तशें पळोवंक गेल्यार लग्न करप तें घोवाच्या इत्सेप्रमाण न्हय?' अशें म्हणून सत्या हांसलें. इतले म्हणसर वातावरण तणावमुक्त जाल्लें. कॉफी पितां पितां कांय खीण विचारांत गुल्ल जावन सत्यान म्हणलें, 'कितेंय आसूं, आतां चड वेळ करचो न्हय. तुगेल्या अप्पाजींक सांगून बेगीन शास्त्र करून उडयात. असलीं कामां चड वेळ ताणून दवरप बरें न्हय. हांव एकलेंच विंगड रूम करून कितले दीस रावं?'

दोगांय सकयल आयलीं. दारांत आशिल्ल्या गल्ल्याचेर श्रीनिवासान वचून बिलाचे पयशे फारीक केले. दोगांय भायल्या दुकानाकडेन आयलीं. विडे घेतले. श्रीनिवासान एक सिगारूय घेतली. थंयच हुमकळून दवरिल्ले धुंवतले काथ्याच्या उज्यान सिगार पेटयली आनी ताणें सत्याक विचारलें, 'तुका कॉलेजींत कितल्या वरांचेर वचपाक जाय?'

हातांतली घडयाळ पळोवन तें भियेलें, 'आवयस्, साडेणव वरां जालीं. इकरा वरांचेर एक पिरीयड् आसा. मातलेगीत तयारी केली ना.'

'तुका आनी कसली तयारी करपाक जाय? कितलें हुशार आसा तूं! इतले बेगीन वचूंनाका. अर्दवर खंयतरी भोंवन येवया.'

'प्लीज नाका. सांजवेळां चार वरांचेर येयात. भोंवपाक वचुंया. तयारी केलेबगर वर्गांत वचपाक जायना.'

'तूं कामूच सोडून दी. मंत्र्याचे सुनेन कित्याक नोकरी करपाक जाय?'

'कित्याक करची न्हय? त्यो गिरेस्त राजेशायेच्यो खबरो. प्रजासत्ताक राजवट आसा हांगा. म्हाका वेळ जाता. रूमार वचुंया. म्हाका रूमार सोडून तुमी वचात.'

'अं हं. हांव तुगेल्या रुमार बसून रावतां.'

'तुमी आसल्यार म्हाका पुस्तक चाळूंक जावचें ना. प्लीज, हट करूं नाकात.'

श्रीनिवास एक मिनीट ओगी रावलो. उपरांत ताणें म्हणलें, 'आमी एक रिक्षा करुंया. तुका तुगेल्या रुमार सोडटां आनी हांव तसोच घरा वतां. अप्पाजी ऑफिसांत वचचे पयलीं लग्नाची तारीख थारायतां. लग्न जालीं काय ना, उपरांत आमी पयस रावपाचो प्रस्नूच ना.'

तागेलीं तीं उतरां आयकून सत्या हांसलें आनी म्हणलें, 'दादले केन्नाय प्रॅक्टीकल'.

रस्त्यावयल्यान वतले एके रिकामी रिक्षेक आपोवन दोगांय तातूंत बसलीं. तागेल्या रुमार वतना श्रीनिवासान विचारलें, 'हांव रुमार आयिल्लों तेन्ना आदरान उलयलें. हॉटेलांत एकवचनांत उलयलें आनी आतां परतें आदरान हें कितें?'

'अशें? एकवचनान उल्लेख केल्लो म्हज्या मात लेगीत लक्षांत आयलो ना. पूण भौवचनाची संवय लावन घेवंक जाय म्हाका. गौडाची गौडती जातलें हांव.' अशें म्हूण ताका तिडायलो.

तागेल्या रुमाच्या माळयेकडेन रिक्षा रावयली. तें तातुंतल्यान देंवलें. ताणें मुद्दाम तागेलो हात धरलो आनी शेकहँड केलें. सत्यान ताका इंग्लिशींत म्हणलें 'संयम दवरात हें बेंगळूर. बर्मिंगहॅम न्हय. बाय-बाय, गुडलक, चार वरांचेर येयात.' अशें सांगून कंपावंडांत गेलें. सोपणां चडून आपल्या रुमार गेलें. रिक्षा मुखार गेली.

## 2

इकरा वरांचेर इंटरच्या वर्गांत तागेलें लॅक्चर आशिल्लें. 'ग्रीस देशाचें भौगोलिक विवरण आनी इतिहासाचेर ताचो प्रभाव' ह्या विशयाचेर लॅक्चर आशिल्लें. पुस्तक मात्शें चाळ्ळ्यार पुरो. सत्या विद्यार्थिनी आसतना केन्नाच प्रोफेसराचें लॅक्चर वा तांणी दिल्ली टिपणी वापरिनाशिल्लें. परिक्षेंत पास जावपाखातीर बाजारांत विकतीं मेळटात तसलीं सुलभ पुस्तकां वाचिनाशिल्लें. प्रत्येक विशयावयली चार-पांच पुस्तकां वाचून तांची तुळा करून आपूण स्वता नोट्स तयार करतालें. तेखातीर ताका लॅक्चर दिवपाक व्हडलेशे त्रास जायनाशिल्ले. तरीकूय हयगय जावची न्हय म्हूण कॉलेजींतल्यान लायब्रीतलीं दोन पुस्तकां काडून कांय मुद्दे बरोवंक ताणें सुरवात केली. तें फकत धा-पंदरा मिणटांचें काम. उपरांत दनपरां दोनासावन तीनमेरेन जुनियर बी.ए.क भारतीय

इतिहासाचेर लॅक्चर आशिल्लें. भारतीय इतिहास म्हणल्यार सत्याचे बाबतींत आनीक एक जाणा जाल्लो भाग. आयज ताणें 'वेद काळांतलो धर्म आनी समाज पद्धत' हाचेर लॅक्चर दिवचें थारायिल्लें. त्या विशयाचेर कितलीय तयारी केल्यार लेगीत जेवणाचे सुटयेंत उरिल्ल्या अर्दवरांत विशयाची उजळणी करपाचें सत्यान थारायिल्लें. त्याचवेळार दुसऱ्या दिसाचीय तयारी करपाचें ताणें थारायलें.

हातांत पुस्तक घेवन फकत पांच मिणटां जाल्लीं. भायल्यान कोणेतरी दारार मारलें. ताणें उठून दार उक्तें केलें. घराचे धनी आयिल्ले. सुमार साठ वर्सांचो जाणटेलो. माथ्यार आशिल्ले मेजकेच धवे केंस दाव्यान मागो काडून वळयिल्ले. पुडवें आनी आंगार अर्द्या हाताची बंडी आशिल्ली. कपलाचेर बिबुतीचे उबे धवे पटे आनी ताचे मदीं तांबडो गंधाचो उबो पट्टो. दार उक्तें करतनाच पाठ करून दवरिल्लेवरी ते म्हणूंक लागले, 'आयज सांजमेरेन आमगेलो रुम रितो करून दी. प्लीज आमगेर सोयरे येवपाचे आसात. अर्जंट जाय.'

सत्याक कांयच समजलें ना. तें मोने खांब्यावरी तागेल्या तोंडाकडेन पळयत उबें रावलें. ताणें परतें म्हणलें, 'हें पळय, हांव गंभीरतायेन सांगतां. कळ्ळें न्हय? आमची कूड आमकां रिती करून दियात. इतल्या दिसांचें भाडें वजा करून ॲडवान्सामदले उरिल्ले पयशे तुका दितां. हांवें फकत पयशे करपाखातीर रूम बांदले नाशिल्ले.' अशें सांगून ते सोपणां देंवन गेले.

दोन मिणटांनी तें साबुद्दीर आयलें. सोपणांकडेन धांवन वचून ताणें ताका उलो मारलो. 'मिस्टर केशवय्यंगार'. आपल्या घरामुखावयल्या तुळशीवृंदावनामुखार हात जोडून ते उबे आशिल्ले. सत्यान उलो मारतकीच वयर पळोवन ताणें म्हणलें, 'कितें?' 'मात्शे वयर येयात. उलोवंक जाय.' अशें सांगून थंय उबें राविनासतना आपल्या रुमार आयलें.

दोन मिणटानीं वयर येवन हुमऱ्याभायर उबो रावन ताणें विचारलें 'देवाचें स्तोत्र म्हणटालों हांव! कितें काम आसा तें सांग.'

'अशें अकस्मात रूम रितो कर म्हणल्यार कशें जातलें? कसलो त्रास जालो तुमकां?' अशें सत्यान विचारलें.

'हांवें येदोळ सांगिल्लें. हांवें फकत पयशे करपाखातीर रूम बांदले नात म्हूण. तुमगेलें तुमी समजून घेयात.'

'तातूंत समजून घेवपासारकें कितें आसा?'

'सामकें फोडून सांगू? पयशे करपाखातीर हॉटेलवाले रूम बांदतात. थंय कितेंय करपाक जाता. आमगेल्या घरांत चलीभुरगीं आसात. हेर भाडेकार कागाळ करतात. हां. आयजूच रिती करात. आठ वरां वेळ दिता हांऽऽ.'

सत्याक राग आयलो, 'हीं कसलीं भुरगेपणां करतात? कितें उलयतात तुमी?'

'हें पळय, आवाज वाडयलो म्हूण हांव कितें भितलों? खूब पळयलां असलें आमी. इंजिनियर म्हणून रिटायर जाला हांव. खबर आसा तुका? भर रस्त्यार रिक्षांतल्यान देंवतकीच दादल्याक शेकहँड केल्लो? कोण तो? आमगेल्या चलयांनी पळयल्यार कितें जातलें? आमगेलें घराणें खंयचें तें तुका खबर आसा?'

इतल्यान तेळून बशिल्लो माळयेवयल्या घरांतलो दादलो सकयल आयलो. धवें पुडवें न्हेशिल्लो, सायकल कासाटो मारिल्लो, बंद गोलाचो कोट घाल्लो आनी कानसुलांचेर लायिल्ल्यो मुद्रा. आनी कपलाचेरूय. हो तागेलो अवतार सत्यान आपले नदरेंत टिपलो. ताणें म्हणलें, 'फाटल्यान उलोवपाची संवय ना आमकां. जें उलोवपाचें तें तोंडारूच उलयतां. म्हाराभशेन दिसतालो खंय तो. गांधी तोपी घाल्ली. तशें न्हय, उलोवण्यावयल्यान तें कळटालें खंय. ताका हे बायलेन भितर घेतलो खंय. तागेल्या बापायन ताका व्हाणानीं फोडून काडलें खंय. ही बायल, शूद्राच्या चल्यावांगडा लग्न जातलीच म्हूण हट धरून बसल्या खंय. सकाळीं लेगीत रुमांत आयिल्लो खंय. अशें हांगा जावपाक लागलें जाल्यार आमी हांगा कशें रावपाचें?' ताचें उलोवप अर्द्यारूच उडोवन धनयान म्हणलें, 'हांवें पयलींच सांगून दवरलां. फकत पयशांखातीर आमी घर बांदलें ना.'

इतल्यांत घराच्या फाटलेवटेनचे गॅलरींत सात-आठ बायलो आनी दादले, भुरगीं मेळून हें दृश्य पळयतालीं. शेजाराच्या घरांतली बायल आनी तिगेलीं दोन ल्हान भुरगींय भायर येवन पळयतालीं. ती बायल मदींच तोंड घालपाची वाट पळयतल्यावरी दिसताली. सत्याक लज जाली. 'रूम रितो करपाकूच जाय जाल्यार करतां. पूण सांजवेळा म्हणल्यार सांजवेळांच जावचें ना. एक-दोन दीस रावात.' अशें सांगून रुमाचें दार सट् करून बंद केलें.

'थँक्यू! ह्या सोमारमेरेन रूम रितो करपाक जाय.' अशें म्हणत केशवय्यंगार परतो थंयच्यान गेल्ल्याचो आवाज आयकलो. फाटोफाट परतोय ताचो आवाज आयकूंक आयलो, 'तुमी सगळीं हांगा कित्याक आयल्यांत? असल्या बायलांकडेन उलयतना पयसुल्ल्यान लेगीत पळोवप न्हय. वाडिल्लीं चली भुरगीं तुमी-' अशें म्हणिल्लें स्पश्ट आयकूंक येतालें. रस्त्यावटेन आशिल्ल्या जनेलांतल्यान सत्या भायर पळयत उबें आशिल्लें. पांच मिणटांनीं माळयेर रावपी पद्मनाभाचार्य पेदाल मारीत सायकलीचेर चडटना दिसलो.

कॉलेजीक वचपाची वेळ जाल्ली. सकाळींच कपडे बदलिल्ल्यान परते कपडे बदलपाची गरज नाशिल्ली. दाव्या हाताक ताणें पर्स हुमकळायली आनी दोन पुस्तकां हातांत घेवन रुमाक कुलप लावन तें भायर सरलें. पद्मनाभाचार्याची घरकान्न फल्गुबाय सरयेच्या दाराफाटल्यान उबी रावन पळयत आशिल्ल्याचें सत्याच्या लक्षांत आयलें.

सत्याक खूब राग आयिल्लो. आतां घडटाल्यो त्या घडणुकांची ताका अपेक्षा नाशिल्ली. ल्हव आवाजांत उलयात म्हणल्यार बापायन आवाज कमी केलो ना. रागांत आसतना सगळे अशेच आसतात. गांवातल्या लोकांक तांणी कितलोय आवाज कमी करपाचो येत्न केल्यार तांकां तें शक्य जायना. 'ह्या केशवय्यंगारांच्या घरांत चार लग्नाक वाडिल्ल्यो चलयो आसात. अठ्ठावीस सावन अठरा वर्सां मेरेनच्यो. दोग जाणां खंयतरी कामाक वतात. तरिकूय ताका म्हजीच वाट चुकल्या अशें दिसता.' अपमानान तागेलें मन खतखतालें. 'हांव काय फुकट रावना, हांगा आड्डपाचें कांयच कारण ना. गॅट आवट - अशें हांवें कित्याक म्हणलें ना.' अशें म्हूण आपल्याकूच धोसतालें. पूण इतल्या लोकांच्यो नदरो म्हजेर आसतना म्हजेसारकेले चलयेच्या तोंडातल्यान अशीं उतरां कशीं भायर सरतलीं? हांव ह्या शारांत नवें आयिल्ल्यान ते तरी म्हाका कशे वळखतले, अशें तें आपल्याकूच समजावंक लागलें.

तयारी करपाची ताका व्हडलिशी गरज नाशिल्ली. पूण मनाची शांती ढळमळीत जाल्ल्यान त्या दिसा ताका सारकें लॅक्चर दिवपाक जालें ना. एकाद्रो विशय विस्तारान सांगपाचो आंगात गूण आशिल्ल्यान विद्यार्थी-विद्यार्थिनींक सदचेपरस व्हडलोसो फरक जाणवलो ना. तरीय ताच्या मनांचें समाधान जालें ना. लॅक्चर सोंपतकीच तें वाचपघरांत वचून बसलें आनी विचार करुंक लागलें. दुसरो रूम सोदूंक जाय. जाय तेन्ना रोखडोच ह्या शारांत रूम मेळप खूब कठीण. दुसरो रूम सोदप इतलेंच न्हय, रावता थंयच्यान अपमानीत जावन वचपाचें. अपमानीत जावपाक हांवें केल्लें वायट काम तरी खंयचें? अशें सत्या आपल्याकडेनूच उलोवंक लागलें. तरीकूय ह्या लोकांपसत पयस वचूंकच जाय. ब्राह्मण रावतात थंयच्यान पयस वचपाक जाय. रयत, मुसलमान, किरिस्तांव वा हरिजन घरा धनी आशिल्लें घर सोदूंक जाय. पूण अशें कितले दीस रुमार रावपाचें? चडांत चड आनीक वीस दीस. म्हयन्याभरांत लग्न जातलें. मागीर रूम जाय तरी कित्याक? तितले म्हणसर खंयच्यातरी हॉटेलांत रावल्यार कशें, असो विचार ताच्या मनांत आयलो. पूण एके बायलमनशेन एकलीच हॉटेलांत रावप, तेंवूय बेंगळूर सारकेल्या शारांत शक्य ना. हेंवूय ताका कळटालें.

दोन ते तीनाचो वर्ग सोंपोवन तें नीट आपल्या रुमार गेलें. चार वरांचेर श्रीनिवास येतलो तेन्ना ताका सगळें सांगपाचें आनी तो जशें सागंता तशें वागपाचें अशें ताणें थारायिलें. सत्या कंपावंडांत भितर सरून वयर वतना केशवय्यंगाराच्यो दोन चलयो विंगड विंगड जनेलांतल्यान ताका पळयताल्यो. एकलें पळयतालें तें दुसऱ्याक खबर नाशिल्लें. सोपणां चडून वयर वचून रुमाचें दार उक्तें करपाचो आवाज येनाफुडें फल्गुबाय सरयेच्या दारा फाटल्यान येवन उबी राविल्ली सत्याक दिसली.

ते बायलेचो सत्याक खेरीत राग आयिल्लो. 'घरांत तिका आनी कसलेंच काम ना' अशें दिसलें. चार वरांचेर श्रीनिवास येतना ती अशीच पळयतली. सदांच घरांत आसपी केशवय्यंगारूय पळयतलो. श्रीनिवासाच्या फाटोफाट सोपणां चडून येवन ते झगडें उकसून काडीत, वायट उतरां दीत. श्रीनिवास मात्सो तापट सभावाचो. रोखडोच परतो कितेंतरी म्हणटलो. झगडीं जातलीं. पूण एके गजालीचेर ताका पुराय विस्वास आशिल्लो, झगडीं जाल्यार लेगीत हे लोक मारामारी करचे नात. इतली हिम्मत तांचे भितर ना. ती आशिल्ली जाल्यार हे अशे रावतले आशिल्ले? अशें सत्याक येवजलें.

चार वरांचेर श्रीनिवास आयलो ना. सवायचार जालीं तरीकूय आयलो ना. साडेचार, चार-चाळीस, चार-पंचेचाळीस जालीं तरी आयलो ना. एकाद्रें तागेल्या बापायन कसलेंय काम सांगलां आसतलें! नाजाल्यार वेळ कळनासून गाड न्हिदला आसतलो. पूण म्हाका मेळपाक येवपाक तो विसरलो कसो? असो विसरून न्हीद काडचो ना. अशें तें आपल्याकूच समजावंक लागलें. आनीक अर्दवर गेलें. हो रुम सोडपाक जाय. दुसरो सोदूंक जाय. आनीक कितल्या दिसांखातीर रूम करपाचो? अशे प्रस्न परतेय तकलेंत आयले. श्रीनिवासान बेगीन येवपाचें न्हय? साडेपांच जालीं. आनीक कितल्या दिसांखातीर रुमाची गरज आसतली हें कळिल्लें जाल्यार कसली तरी वेवस्था करपाक जाताली. कित्याक आयलो ना तो?

इतल्यांत शेजरा रावपी पद्मनाभाचार्य आयिल्ल्याची सुलूस लागली. ताणें दारार मारिल्ल्याचो आवाज आयकूंक आयलो. दार काडिल्लो कट्ट असो आवाज आयलो. घरा वतकीच ते बायलेक विचारतलेच, हांव कितल्या वरांचेर भायर गेल्लें. केन्ना परतलें, घोवा-बायलेक लग्न जातकीच एकमेकांविशीं जितली ओड आसता ताचेपरस चड त्या दोगांकूय आपलेविशीं आसा. ह्या विचारान ताका हासूंक आयलें. रोखडोच रागूय आयलो. सकाळीं तो उलयतालो, तेन्ना हांव कित्याक ओगी रावलें, त्याचवेळार ताका झोडून काडपाचें.

दोन मिणटांत ताका कितेंतरी येवजलें. तें उठलें आनी दार उक्तें करून भायर आयलें. त्या आवाजान फाल्गुबाय सरयेच्या दाराफाटल्यान येवन उबी राविल्ली सत्याक कळ्ळें. तें सोपणांकडेन गेलें. दावेवटेच्यान बागोवन ताणें 'मिस्टर अय्यंगार' म्हूण उलो मारलो. तुळशीकट्ट्याचेर एक पांय दवरून, हातांत एक गुलाबाचें फूल घेवन सिनेमातलें पद म्हणत, आपलेभितरच अभिनय करपी अठ्ठावीस वर्सांचें तागेले आंकवार व्हडले चलयेन मान वयर करून पळयलें, 'हांवें आपयलां म्हूण तुगेल्या बापायक सांग' अशें इंग्लिशींतल्यान सांगून तें परतें आपल्या रुमांत आयलें.

दोन मिणटांनी केशवय्यंगार वयर येवन रुमाच्या दारांत येवन उबो रावलो. आतां लेगीत तो सकाळीं आयिल्ल्या भेसांतच आशिल्लो. ताका भितर आपयनासतना सत्यान भायर येवन सांगलें, 'हांव हो रूम सोडचें ना. सोडुंकूच जाय अशें म्हणटात जाल्यार तुमी कोर्टांत वचपाक शकतात.'

केशवय्यंगाराच्या तोंडांतल्यान उतर सुटना जालें. परती जाप दिवपाक सुमार एक मिनीट गेलें. 'कितें म्हणटात तुमी? आमी रूम बांदल्यात ते...' हें तांगेले वाक्य सत्यान अर्द्यारूच तोडलें. 'अपमानास्पद उतरां तुमच्या तोंडांतल्यान भायर सरल्यार पुलिसांत कागाळ करतलें. एकले बायलमनशेकडेन उलयतना सारकें उलोवंक शिकात.'

'मर्याद वळखून उलयतां बाय.' अशें म्हूण एक आळणो गिळून आपलो आवाज बदल्लो. 'म्हगेलें व्हडलें चली चार्टर्ड अकावन्टन्सीचे परिक्षेक बसता. ताका अभ्यासाखातीर रूम जाय. तेन्ना प्लीज रिती करून दियात.'

'म्हाका दुसरो रूम मेळ्ळेबगर हांव हो रूम सोडचें ना. ताचे पयलीं तुमी जावं वा दुसऱ्या कोणेय भाडेकारान जावं, कितेंय अशें-तशें उलयल्यार हांव ओगी रावचें ना. म्हज्या रूमांत येवपी कोणाकूच 'तूं कोण' म्हूण विचारपाचो अधिकार तुमकां ना. हांव देंवतना-चडटना कोणेय जनेलांतल्यान तकली वयर काडून पळोवंक जायना. म्हज्या रुमांत येवपी दुसरो कोण न्हय. पंदरा दिसांनी आमचें दोगायचें लग्न जावपाचें आसा.'

'ती तुमची इत्सा. म्हाका कित्याक तुमगेल्यो खाजगी गजाली? हांवें सांगला म्हजो रूम...'

'हांवें रूम सोडीमेरेन कितेंय उलोवंक जायना. म्हयनो सोंपतकीच रुमाचें भाडें घेवन वचपाचें. कितेंय चड-उणें उलयल्यार रँट-कंट्रोलर आसाच न्हय.' अशें सांगून भितर वचून रुमाचें दार धांपलें.

घराचे धनी परती जाप काडिनासतना परतो गेल्ल्याचो आवाज आयलो.

## 3

ताणें एक थाराविक अशें हॉटेल थारावंक नाशिल्लें. अशें एकल्यान आनीक कितले दीस रावपाक पडटले हेंच निश्चित नासतना म्हयन्याच्या कराराचेर हॉटेल तरी कशें थारावपाचें हें येवजून लागींच मेळटा त्या खंयच्याय हॉटेलांत वचून जेवण जेवतालें. सांजेचीं साडेसात वरां जालीं. तरी श्रीनिवास आयलो ना. तो कित्याक आयलो ना हाचो एकेवटेन हुस्को आनी हांव जेवपाक गेल्लेकडेन तो आयलो जाल्यार म्हाका खंय म्हूण सोदतलो हाचो हुस्को. ताका पळोवपाक, मेळपाक सत्याचो जीव आकुळ-पिकुळ जातालो. तो बापायकडेन लग्ना तारखेविशीं उलोवपाक म्हूण सांगून गेल्लो. तांगेल्या विचारांत फेरबदल जाला काय? बदल जाल्लो आसल्यार खंयचें कारण मुखार दवरून फाटीं सरल्यात काय? वयले जातींतले चलयेचो सून म्हूण आपणावपाक अशिक्षित रंगम्मांक फाटींफुडें जावप हातूंत अजाप दिसपासारकें कांय ना. गांधींजीच्या आश्रमांत रावन, मंत्री जावन ह्या सगळ्या वातावरणांत वावुरपी अप्पाजींक भीड, मुरवत कसली. गांवांत आमगेल्या अप्पांकडेन दुस्मानपण पत्करपाक नाका असो तांचो विचार आसपाक जाय. पूण चल्याचो लग्न जावपाचो इतलो हट आसतना ते थंय लक्ष दिवचे नात. इतल्या व्हडल्या जाग्याचेर पाविल्ले व्यक्तीचे नदरेन ही काय व्हडली गजाल न्हय. रूढीविरूद्ध वचप म्हणल्यार असलो विरोध जातलो हें गांधीजींच्या आश्रमांत रावन आयिल्ल्या तांकां खबर ना? अशें सत्या मनांतल्या मनांत आपल्याकूच समजावंक लागलें.

श्रीनिवास आठ वरांचेर आयलो. ताचो चेहरो देंविल्लो. भितर येवन बसत ताणें म्हणलें, 'तूं जेवपाक भायर सरलें आसतलें अशें म्हाका दिसलें.'

'इतलो वेळ कित्याक जालो? भूक लागिल्ली. पूण तुजी वाट पळयत बशिल्लें हांव.'

'हांवूय दनपरां जेवलों ना.'

'कित्याक? घरांतलें वातावरण बदल्लां?' सत्यान उजव्या भुजाचेर हात दवरत ताचेकडेन पळयत विचारलें.

'बायलांचीं बुद्दच असली.'

'कितें जालें? आवयचें मन परतें संशयान भरलें काय कितें?'

'तिका सपन पडलें खंय. तुजेकडेन लग्न जाल्यार भुरगीं जावचीं ना म्हूण. वंश वाडचो ना. अशें गांवातल्या श्रीनिवास देवानूच सांगलां खंय. ती हीच परवड लावन आसा.'

'हें पिशेंपण म्हूण तुवें तांकां समजावन कित्याक सांगलें ना?'

'सकाळसावन तेंच तर सांगत आयलां. दनपरां जेवलो लेगीत ना. तीवूय जेवली ना. अप्पाजींक सांगतलो म्हूण ऑफिसांत फोन लायलो. पूण ते कामार आशिल्ले.'

'सांजवेळां येतकीच मागीर उलोवया अशें अप्पाजीन म्हणलें. पांच वरांमेरेन वाट पळयली. ते आयले ना. परतो फोन केलो. 'हांगा मिटींगेंत आसां. राजकारणाचें काम. ताचेपरस तुगेलें लग्न म्हत्वाचें? मात्सो राव.' अशें सांगून ते बेजारले. सात वरांचेर ते घराकडेन आयले तेन्ना तांकां सांगलें, आवयन आतां विचार बदल्लो.'

'मागीर तांणी कितें म्हणलें?'

'पळय बाब, हांवें कितेंय उलयल्यार चुकीचें थारतलें. होवूय पोरण्या जमान्यांतल्या रुढींचेर विस्वास दवरता म्हणशीत. म्हाका कितें, तुवें ताचेकडेन लग्न जाल्यारूय सारकें आनी नाजाल्यारूय सारकें. लग्नाविशीं भुरग्यांक पुराय स्वातंत्र्य दिवपाचेर विस्वास दवरपी डॅमोक्रॅट हांव. मागीर तूं आनी तुगेली आवय पळोवन घेयात कितें करपाचें तें.'

'मागीर?' सत्यान विचारलें.

'हांवें तांकां म्हणलें, 'तुमी तिका समजायात.' तर तांणी म्हणलें, 'तूं तिगेलो अपुरबायेचो एकलोच चलो. जंय तुगेलें आयकली ना थंय म्हगेलें कितें आयकतली? लग्न म्हणल्यार शुभकार्य. असल्यो गजाली णव म्हयने पोटांत दवरून वाडयिल्ले आवयच्या मनाविरुद्ध करच्यो न्हय. ही आमगेल्या काळांतली नीत. तुमी आयचीं भुरगीं. कितें जाय तें करात.' इतले म्हणसर अप्पाजींक सोदूंक कोण घराकडेन आयलो. ते खातीर मुखार कांयच उलोवंक मेळ्ळें ना. आनी उठून नीट हांगा आयलों.'

सत्या गंभीर जालें. तांगेल्या मनांतलीं हीं पिशेपणा कशीं काडून उडोवप अशें येवजून ताणें म्हणलें, 'हांव फाल्यां येवन तांकां समजावं?'

'नाका, तुगेलें नांव काडल्यार ती तिडकीन उसळटा. म्हज्या चल्याचेर करणी केल्या, चांडाळीण अशीं वायट उतरां वापरता. तिचे म्हन्यांत गेल्यार फकत उलोवणीं खावचीं पडटलीं. आनीक कांयच जावचें ना.'

'आतां कितें करुंया.' अशें सत्यान म्हणलें.

'म्हाका कांयच सुचलें ना. दनपरां रडूंक येवपाक लागलें. तुकाच विचारतलों म्हूण हांगा आयलों.'

कांयवेळ तसोच गेलो. उपरांत सत्यान म्हणलें, 'हांवें सकाळीं सागलें ना? तशेंच करपाक जाय. फाल्यां सकाळीं सबरजिस्ट्रारांत वचून डिक्लॅरेशन दिवन यो. पंदरा दिसांनी दोगांय जाणां कांय साक्षीदारांक वांगडा घेवन वचून रजिस्टर लग्न करून येवया. लग्न जातकीच मागीर सगळीं आपणायतलीं.'

'अप्पाजींक राग आयलो जाल्यार?'

'रागार जावन कितें करतले? चडांतचड कितें जातलें? म्हज्या बापायन म्हाका मारलें तशें तुकाय मारतले. होवूय एकेभाशेन सत्याग्रह म्हूण ओग्गी उबो राव. हात दुखतकीच आपसूकच थांबतले.'

'ते तशें करचे नात. खेड्यांतली पद्धत ती. मारपाची-बिरपाची. कितलेय जाले तरी ते शिकिल्ले.'

'कितेंय जावं. हाचेर हो एकूच उपाय आसा.'

श्रीनिवासाक घेवन सत्या हॉटेलांत गेलें. दोगांकूय खूब भूक लागिल्ली. पूण दोगांयची जेवणाची रूचच नाजावन गेल्ली. हात धुवन थंयच्यान भायर सरतकीच दोगांय उलयत उलयत चलपाक लागलीं. 'फाल्यां सकाळीं हांव येवचो ना. इकरा वरांचेर सब रजिस्ट्रारांत वचून काम पुराय करून दनपरां अडेजांक येतां.' अशें सांगून श्रीनिवास गेलो. दुसऱ्या दिसा सत्याचें कॉलेज दोन वरांचेर सुटपाचें आशिल्लें.

## 4

श्रीनिवास दुसऱ्या दिसा सब-रजिस्ट्रारांत वचून डिक्लॅरेशन दिवन आयलो. आतां तांगेलो मार्ग निश्चित जाल्लो. बी.एल् परिक्षेंत नापास जाल्ल्यान ताका परती परिक्षा दिवपाक जाय आशिल्ली. वकील जावपाचो, एकाद्रें सरकारी काम करपाचें, धंदो करपाचो वा गांवातली जमीन अत्याधुनिक पद्धतीन कसपाची हाचो ताणें आयजवेर निश्चित असो विचार करूंक नाशिल्लो. आतां परिस्थिती खूब बदलिल्ली. रजिस्टर लग्न जाल्यार अप्पाजींकूय राग येतलो. ताचो राग देंवसर आपणें कितें करपाचें हो प्रश्न ताका पडिल्लो. सत्या म्हणटालें, 'हांव कशेंय जोडटां. एक ल्हानशेंच घर घेवया.'

श्रीनिवासान घरांत लग्नाविशीं उलोवपाचेंच बंद केलें. आपल्याच रुमांत ओग्गी पडून रावतालो. सांजवेळां सत्याच्या रुमार वचून थोडोवेळ उलयत बसतालो.

तागेले इश्ट, वर्गइश्ट, कामा निमतान बेंगळूरात रावताले. तातुंतल्या तीग जाणांक घेवन दोगांय थारायिल्ल्या दिसा रजिस्ट्रार ऑफिसांत गेलीं. दोगांयचे आंगावयले कपडे सादे आशिल्ले. ऑफिसांतल्या मुखेल कारकूनान सांगलें, 'सायब रजेर गेल्यात, तेखातीर आयज रजिस्ट्रेशन जावचें ना.'

'सायब नासल्यार कितें जालें? तांगेलो डेप्युटी कोणूय आसतलो.'

'हेर रजिस्ट्रेशनां तुमी तांचेबगर कशीं करतात? त्या कामाक सायब नाकात.'

कांयवेळ ताणें उतर दिवपाचें टाळ्ळें. निमणें कितेंतरी थारावन कारकूनान विचारलें, 'हांगा श्रीनिवास नांवाचो कोण आसा?' श्रीनिवास मुखार वतकीच ताच्या खांद्यार हात दवरून ताका भितरले कुडींत व्हरून मुखावयल्या कदेलाचेर बसोवन ल्हव आवाजांत म्हणलें, 'सर, आमी गरीब मनशां. गैरसमज करून घेवं नाकात.'

'कितें तें सांगात.'

'तुमी हें रजिस्टर लग्न करूंक शकचे नात. कोणेतरी हरकत घेतल्या.'

'कोणें? म्हाका पळोवपाक दिता तें पत्र.'

'लेखी न्हय. हांव तुमकां विस्कटावणी करून सांगता. तुमगेले बापूय मंत्री म्हूण आमकां खबर नाशिल्लें. तुमगेल्या बापायच्या पी.एन हरकतीचो निरोप हाडलो. हें रजिस्ट्रेशन जावंक दिवचें न्हय म्हूण.'

'तांकां कोणें कळयलें?'

'ह्या दिसांनी तांगेलो पी.ए. चवकशी करपाक आयिल्लो. आमकां कितें खबर? आमी ताका नोटीस बोर्डावयले सगळे अर्ज दाखयले.'

श्रीनिवास रागान सणसणलो. आपणालो बापूय अशे तरेन वागतलो हाची ताका मात लेगीत कल्पना नाशिल्ली. श्रीनिवासान विचारलें, जाणें हें लग्न आडायलें ताणें लेखी कांयच दिवंक ना. मागीर रजिस्टर करून उडयल्यार कितें जातलें?

'आमी नोकर सर. आमकां ते त्रास दितले, आमकां हांगा नोकरी करपाक जाय.'

'हें पळयात. आयजूच रजिस्ट्रेशन जावंक जाय अशी हांव मागणी करतां.'

'कायद्या प्रमाण तुमी डिमांड करूंक शकतात. हाची कल्पना आशिल्ली म्हूणच आमगेले सायब चार दिसांखातीर रजेर गेल्यात. 'अधिकारी नाशिल्ल्यान सदर पार्टीन चार दिसांनी येवचें.' अशें बरोवन दिवपाचो अधिकार म्हाका आसा. जाय जाल्यार बरोवन दितां.'

श्रीनिवास रागान गुरगुरलो. पूण कारकूनाचेर तिडकुवचें न्हय हें तो जाणा आशिल्लो. भायर येवन ताणें सत्याक आनी तागेल्या इश्टांक ही खबर सांगली. सत्या ताच्या तोंडाक पळयत रावलें. लग्नाक विरोध आशिल्लो तो तागेल्या आवयचो न्हय. तर खरो विरोध आशिल्लो तो फकत तागेल्या बापायचो हें सत्याक रोखडेंच कळ्ळें.

श्रीनिवासान रागान परतें म्हणलें, 'म्हज्या लग्नाआड येवपाचो हाका कसलो अधिकार आसा. रास्कल खंयचे. वचून करतां तांचें सारकें.' अशें म्हूण श्रीनिवास थंयच्यान गेलो. ताका आडावन सत्यान म्हणलें, 'अशें तिडकून कांयच जावचें ना. अशे रागार जावंनाकात. कारकून जें कितें बरोवन दिता तें मोन्यांनी बरोवन घे. चार दीस कित्याक, स दीसलेगीत हाचेवयल्यान वचूंदी. आमी दोगांय सज्ञान आसात. आमगेलें लग्न आडावपाक खुद्द राष्ट्रपतीक लेगीत अधिकार ना. सबरजिस्ट्रार कामाचेर रुजू जातकीच आमीच ताचेकडेन कायद्याचे भाशेंत ताका कळटा तशें उलोवंया.'

'तशें करपाक जायना' साक्षीदार जावन आयिल्ल्यांतल्या एका इश्टान, राजेगौडान सांगलें. 'हांव सरकारी काम करतां. कोर्ट कचेरी करून कांयच फायदो ना. हांव सांगता तशें करात. आयज मात्शीं ओगी रावात. मोन्यांनी चार इश्टांक घेवन नंदीहिल्स वा बनशंकरीक वचात. एकमेकांक हार घालून शास्त्र करात. सकाळफुडें दिसाळ्यांत टी. एम्. श्रीनिवास आनी टी. वी. सत्यभामा हांचो लग्नसुवाळो अमूककडेन व्हडा दबाज्यान जालो अशें घालुंया. सगळें जाग्यार पडटलें.'

सत्याकूय तागेलो विचार मानवलो. पूण श्रीनिवासाक हो विचार मानवलो ना. 'हांवें तांचेमुखार हार मानपाची? मंत्रीपणाचें शाणपण म्हजेमुखार मिरयता? कोल्याची नाडबुद्द ही. हावूंय पाळेगार वंशांतलो. राजघराण्याचें रगत म्हज्याय शिरांतल्यान व्हांवता. हांव हाका भिवचो ना. आतां घराकडेन वचून पळयतांच ताका. लग्न ह्याच ऑफिसांत रजिस्टर पद्धतीन जावंक जाय, नाजाल्यार तांणी करून दिवंक जाय.' अशें म्हणून थंयच्यान सटसटीत गेलो.

सत्यान श्रीनिवासाच्या हाताक धरून म्हणलें, 'रागार जावंनाकात. घराकडेन वचून तांचेकडेन झगडनाकात. मोन्यांनी राजेगौडान कितें सांगलां तशेंच करात.'

'तांकां भिवन पळून वचून लग्न करपी हांव न्हय. राजा थाटान लग्न जातलों. चोरून न्हय. तूं तुगेल्या रूमार वच. हांव येतां' अशें म्हणून तो आपलो हात सोडोवन मुखार चलूंक लागलो. सत्यान आडायल्यार लेगीत रावलो ना.

ऑफिसाच्या कंपावंडाभायर रिक्षा राविल्ल्यो. तातुंतले एके रिक्षेंत चडून बसतकीच श्रीनिवासान परतें सत्याक सांगलें. 'तूं कॉलेजांतल्यान वचून येतकीच रुमार वचून राव आनी हांव इश्टांकूय फोन करतलों' अशें सांगून रिक्षावाल्याक वचपाक सांगलें.

## 5

घराकडेन पावसर श्रीनिवासाच्या रागाचो पारो खूब चडिल्लो. अप्पा घराकडेन नाशिल्लो. ऑफिसांत गेल्लो. आवय बंगल्यांतले एके कुडींत बशिल्ली. पंदरा दीस जाल्ले ताणें आवय कडेन उलोवप सोडिल्लें. बापायकडेन गरजेपुरतें उलयतालो. आतां मात तो नीट आवयचे कुडींत गेलो आनी तिचेमुखार उबो रावलो. आनी म्हणलें, 'हे इतलीं नालायकपणां करतले अशें हांवें चिंतूंक लेगीत नाशिल्लें. अप्पाजीन अशें करपाक जाता?'

'कितें जालें सायबा?'

'आपूण मंत्री जालो म्हूण कितें जालें. सरकारी ऑफिसांत वचून अशें करात तशें करूं नाकात अशें तांणी वचून सांगपाक जाता?'

तिका हातूंतलें कांयच खबर नाशिल्लें म्हणून तिणें म्हणलें, 'हें करप न्हय जाल्यार मंत्री कित्याक जावपाचें? अधिकाऱ्यांक अमकें करात आनी अमकें करनाकात म्हणून सांगून राज्य करपाकूच न्हय?'

'आपलो थंय कसलोच संबंद नासतना कित्याक तोंड घालपाचें?'

'कितें जालें तें तरी सांग मल्लेश? अशें कित्याक उलयता?'

'हांव तांचेमुखार सांगतां. तांकां आतांच घराकडेन आपय.'

'तूंच फोन कर' आवयन म्हणलें.

'हांव करना त्या नालायकाक.'

तागेले दोळे रागान तांबडे जाल्ले. हांचेपयलीं श्रीनिवासान बापायक केन्नाच वायट उतरांचो शिंवर करूंक नाशिल्लो. तागेल्या तोंडांतल्यान वायट उतरां येतात तीं पळोवन आवय भियेली. तिणेंच हॉलांत येवन फोन घुंवडायलो आनी सांगलें. 'मल्लेश कित्याकितेंय उलयता म्हाका भंय दिसता. घराकडेन मात्शे बेगीन येयात.' धा मिणटां भितर घराकडेन पावतां अशें मंत्र्यान सांगलें.

अप्पाजी येसर मल्लेश आवयकडेन कांयच उलयनासतना सोफ्याचेर आंग सोडून बसलो. भायर मोटार राविल्ल्याचो आवाज आयकूंक आयलो. मोटारीचें

दार काडलें. अप्पा नीट भितर सरतकीच मल्लेशान उबो रावन विचारलें 'ही कपटीपणाची विद्या केन्नासावन शिकलो तूं?'

चल्याकडल्यान अशे तरेची प्रतिक्रिया मंत्र्याक अपेक्षीत नाशिल्ली. तरीकूय तो मात लेगीत तिडकलो ना. महात्मा गांधीन सांगिल्लें, रागार जाल्ले व्यक्तीकडेन शांततायेन वागपाक जाय. अप्पाजीन म्हणलें, 'असल्यो गजाली हांगा करनात. त्या रुमांत चल.' आनी ते न्हिदपाचे कुडींत गेले. रंगम्माय तांचे फाटोफाट गेली. श्रीनिवासूय कितें पुटपुटत गेलो, 'असलें कमी दर्जाचें काम करून तुका पयलीं राग खंय येता. हांव सत्याकडेनूच लग्न जातलों. तूं कितें करतलो? म्हाका तुगेलें भाट-बेंस, पयसो आटको कांयच नाका. खंयच्याय रस्त्याकुशीक एक ल्हानशेंच दुकान घालून पोट भरतलों.'

'जल्म दिल्ल्या बापायक अशें म्हणनात शाण्या.' आवय ताका समजावपाक लागली.

आपले कुडींत पावतकीच मंत्री रंगम्माक म्हणपाक लागलो. 'तागेल्या उलोवण्याचें तूं वायट दिसून घेवंनाका. तागेल्या बऱ्याखातीरूच हांवें तें काम केलें.'

'म्हज्या बऱ्याखातीर करता तूं! गांधीजींची तत्वां सांगता. सगळीं फटींगपणा.'

'हें पळय, तूं कितेंय म्हण, हांवें अशें करूंक नाशिल्लें जाल्यार तुज्या माथ्यार मातृहत्त्येचें पातक येतलें आशिल्लें. तें चुकोवपाखातीर हांवें तशें केलें. तुगेले जल्म दिल्ले आवयन मरपाक जाय आशिल्लें काय जिवें रावंक जाय आशिल्लें?'

'पूण जालें तरी कितें?' आवयन विचारलें.

'सत्याकडेन रजिस्टर लग्न जातलो म्हूण ऑफिसांत नोटीस व्हरून दिल्ली. आयज सकाळीं हीं दोगांय आनी तीग इश्ट मेळून लग्न जावपाक गेल्लीं. लग्न जावंनाकात, चार दीस तरी रावात म्हूण सांगलें. हाणें लग्न केल्लें जाल्यार तूं गोळ लावन आत्महत्या करची नाशिल्ली? मातृहत्येचें पातक सात जल्मांत लेगीत फेडपाक जावचें ना.'

निमाण्या वाक्यान बरोच परिणाम जालो. चलो आपले परवानगेबगर त्या नालायक चलयेकडेन लग्न जावपाक तयार जाल्लो हें आयकून ती खूब भियेली. गांवातल्या श्रीनिवास देवाची तिका याद जाली. 'तशें करूंनाका पापया.' अशें दोळ्यांत दुकां हाडून तिणें म्हणलें.

आयज लग्न जावपाक मेळ्ळें नाजाल्यार आनीक चार दिसांनी काय जायना हांव ते चलयेकडेन लग्न जातलों तो जातलोंच. मागीर कितें करतली तूं?' अशें श्रीनिवासान आवयक प्रस्न विचारलो.

'एक दोरी घेतां आनी गोळ लावन घेतां' अशें रंगम्मान रोखडीच जाप दिली. एक नवो मार्ग तिका सांपडलो. ती झरझरीत उठून कोठयेकुडींत गेली. माळयेचेर सामान बांदपाखातीर वापरतात ती लांब दोरी घेवन आयली. फॅनाखातीर वयर तयार आशिल्ल्या गांचाक दोरी बांदली आनी दुसरें पोंत ताच्या मुखार उडयलें.

मंत्र्यान घडयाळाकडेन पळयलें 'मंत्रीमंडळाची सभा चलताली. देशांतले रयत भाव गरिबेंत जिवीत सारतात. कितल्यातरी गांवांनी दुकळ येवन लोकांची मडीं पडल्यांत. कितें करपाचें हाचेर विचार चलतालो. मदींच फोन आयिल्ल्यान हांव घराकडेन आयलों. म्हज्या घरांतल्या सुख-दुख्खापरस जनतेच्या दुख्खाचो विचार पयलो करपाक जाय. हांव वतां. तुगेले आवयची जापसालदारकी तुजेर. ती मेल्यार लेगीत हांव चवकशी करचों ना. जल्म दिल्ले आवयक मारपाखातीर चलो जल्माक येता काय कितें?' आनी ते सडसडीत भायर सरले. भायर मोटार स्टार्ट करून ती मुखार गेल्ल्याचो आवाज आयलो.

भितर ती दोरयेच्या दुसऱ्या तोंकाक फांस बांदताली. श्रीनिवासाक आनीक तिडक मारली. 'तुका अक्कल आसा काय ना -' अशें म्हणत तिगेल्या हातांतली दोरी हिसकावन घेतली. आनी दुसरें तोंक त्या गाचांतल्यान काडून उडयलें. रांदचे कुडींतल्यान सुरी हाडून तिचे मुखार ते दोरयेचे एकेक वेंतायेदे कुडके करून उडयले. तें पळोवन आवयन विचारलें 'ही दोरी कापून उडयली म्हूण कितें जालें. दुसरी दोरी ना काय कितें घरांत?'

'पळयतां हांव तूं कशी गोळ लावन घेता ती?' अशें म्हणून ताणें आवयचो हात घट धरलो.

'हांवें म्हज्या हातान तुका दूद-तूप खावोवन ल्हानाचो व्हड केलो. म्हूण म्हजो हात धरता तूं? जाय तितलो धर. तूं कितें, घरांतच बसून रावतलो काय कितें? ते चेडयेक मेळपाक वतलोच न्हय. वच. तेन्ना तरी म्हाका गोळ लावन घेवपाक मेळटलो.'

'हांव हांगाच बसून रावतलों. पळोवया कशी गोळ लावन घेता ती.' अशें म्हणून थंयचे बाजयेर बसून रावलो. ती जमनीर पडून मुळू मुळू करून रडूंक लागली. मुखार बसून तिगेलें रडप पळोवपाक जायना म्हूण थंयच्यान उठलो,

कुडीचीं दोनूय दारां उक्तीं केलीं आनी भायल्या हॉलांतल्या सोफ्याचेर येवन बसलो. पूण ताची नदर भितरले कुडीचेर आशिल्ली.

आवयच्या मूर्खपणाची आनी हटीपणाची ताका तिडक मारताली. आवयचे बदला दुसरी कोणूय आशिल्ली जाल्यार चार थापटां फुलयतलो आशिल्लों काय कोण जाणा. असल्या नालायकांचेर रागार जायनासतना कशें रावपाचें? रागार जावप न्हय अशें सत्या म्हणटा. पूण असल्या सुवार्थी मनशांचेर रागार जावचें न्हय जाल्यार कितें करूं? जल्म दिवपी आवय देवासमान म्हणटात. सगळें ती भुरग्यांच्या कल्याणाखातीर करता म्हणटात. तें सगळें फट. भुरग्यांची खरी दुस्मान ती आवयूच. भुरग्यांचें मन, तांच्यो इत्सा, आकांक्षा हातुंतलें तिका कितें खबर आसतलें? अप्पाजी निमाणे आवयवटेनूच गेले. कितलेंय जालें तरी घोव-बायल एकूच जातलीं. निमाणें हांवेंच गोळ लावन घेवचो अशें दिसता हांकां - अशें श्रीनिवासान म्हणलें.

दनपरां तीन वरांमेरेन तो तसोच बसून आशिल्लो. कुडींत न्हिदिल्ली आवय ताका दिश्टी पडटाली. ती जमनीर पोटाकडेन पांय आवळून न्हिदिल्ली. बसून बसून ताका वाज आयलो. इतले म्हणसर सत्या कॉलेजसुटून आपल्या रूमांत गेलां आसतलें हाची याद जाली. ताका वचून मेळचें अशें श्रीनिवासाक दिसलें. उठलो आनी भायर सरलो. भायले गेटीमेरेन गेलो. थंय वतकूच अकस्मात जाणवलें, पुराय वाठारांत एका कॉन्स्टेबला बगर आनी कोणूच ना म्हूण. हांव थंय गेल्यार आनी फाटल्यान तिणें गोळ लावन घेतल्यार? अशें ताका येवजलें. बायलांची बुद्द, तातूंत गांवातल्यो बायलो म्हणल्यार मूर्ख बुद्दीच्यो हाची याद जावन, परतो वचून सोफ्यार बसलो. आवय तशीच न्हिदून आशिल्ली. म्हाका ही आवयूच नाशिल्ली जाल्यार? सत्याची आवय ल्हान आसतनाच ह्या संवसाराक अंतरली. तें ल्हानाचें व्हड जालें ना? शिकलें ना? दादल्यांची गजालूच विंगड. तागेल्या बापायकूय राग आयिल्लो. तांणी सत्याक येतिश्ट बडयलें आनी गांवात गेले. पूण जीव दिवपाची धमकी दिलीना. हें काम बायलकुरपणाचें. ही बायलांची भिजूड जात. मेंढराची जात ही बायलांची अशें येवजून सोफ्याचेर पाँय पसरावन बसलो. नदर मात तागेली कुडीकडेन आशिल्ली.

चार वरांचेर मोटार आयिल्ल्याचो आवाज आयलो. अप्पा भितर आयलो. आपले कुडींत गेलो. जमनीर न्हिदिल्ले बायलेक जाप दिनासतना ताणें कपड्याचें कपाट उक्तें केलें. तातुंतले फेर्र् मारिल्ले दोन नेहरुशर्ट, एक बंद गोलाचो कोट, नव्यो तोपयो काडून सारक्यो करून दवरल्यो. प्रवासाचो एक होल्डॉल सदांच

तयार आसतालो. ड्रायव्हर भितर आयलो आनी होल्डॉल, कपड्यांची ल्हान पेटी घेवन भायर आयलो. मोटारीची डिकी उक्ती करून बंद केल्ल्याचो आयकूंक आयलो. मंत्र्यान भायर येवन म्हणलें, 'म्हाका आतां वेळ ना. दुकळ ग्रस्त भागाच्या दौऱ्यार वचपाक जाय. फाल्यां सांजवेळमेरेन परत येतलों. रातचो तूं न्हिदतकीच तुगेली आवय कितेंय करून घेत. जतनाय घे.' अशें श्रीनिवासाक सांगून भायर सरलो. कांय वेळान मोटार गेल्ल्याचो आवाज आयकूंक आयलो.

सकाळीं सत्या आनी हेर तीग इश्टावांगडा श्रीनिवासान हॉटेलांत जें खाल्लें तितल्याचेरूच तो आशिल्लो. उपरांत ताणें कांयच खालें ना. तांगेल्या घरांत आवयूच रांदताली. हेर भायल्या कामांखातीर एक बायलमनीस दवरिल्ली. ती बंगल्यांत रावनाशिल्ली. मल्लेशाक आतां भुकेची जाणविकाय जावंक लागली. रांदचे कुडींत सकाळचें केल्लें कितेंयतरी उरिल्लें आसतलें. पूण तो उठून जेवलो ना. आवय न्हिदिल्लेकडेन तशीच आशिल्ली. तिका 'वाड' म्हूण सांगप शक्य नाशिल्लें. आपणेंच स्वता वाडून घेवप म्हणल्यार तागेलो स्वाभिमान आड येतालो. तेखातीर रातींय तो उपाशींच रावलो. रातच्या णवांच्या सुमाराक आवय उठून न्हाणयेंत वचून आयली. आनी भायर येवन ताका म्हणलें, 'दनपारचें जेवण उरलां. जेवपाक यो.' 'म्हाका जेवण नाका. तूंच जेवन घे.' अशें श्रीनिवासान सांगलें. उपरांत ती परती कुडींत वचून पयलीं न्हिदिल्ल्या जाग्यार जमनीर वचून न्हिदली.

तिणें स्वता जेवणाचो विशय काडलो म्हणल्यार आतां काय ती जीव दिवची ना अशें ताका दिसलें. आतां तरी सत्याक वचून मेळून येवचें अशें सामकें दिसपाक लागलें. पूण पुराय बंगल्यांत आनीक कोणूच नाशिल्लो. बायलांच्या मनांतलें कळप कठीण हें ताका येवजलें. तेखातीर ताका घरांतल्यान भायर सरपाची धिटाय जाली ना. थंयच उठनासतना न्हिदलो. कांय वेळान थंड वारो व्हांवता हाची श्रीनिवासाक जाणविकाय जाली. तो उठलो आनी बंगल्याचें मुखावयलें दार धांपलें. भायर कंपावंडांत कॉन्स्टेबल मात पासयो मारतालो. श्रीनिवास सोफ्याचेरूच आडवो पडलो.

मदीं मदीं ताका चार फावटीं जाग आयली. जाग येनाफुडें ताणें मान वळोवन कुडीकडेन नदर भोंवडायली. आवय तशीच न्हिदून आशिल्ली. मदीं मदीं जाग आयली तरी रातभर न्हीद लागली. सकाळीं पयलींच ताका जाग आयली आनी उठून ताणें ब्रशान दांत घासले. बंगल्याचें मुखावयलें दार उक्तें केलें. आनी परतो सोफ्याचेर येवन न्हिदलो.

दूदकान्न आयली, भाज्जीकान्न आयली, वावराडी आयली. आवय उठली आनी रांदचे कुडींत गेली. सोफ्या म्हऱ्यांत येवन विचारलें, 'नाश्त्याखातीर कितें करपाचें?' 'कांय नाका' अशें श्रीनिवासान म्हणलें. आवय मोन्यांनी भितर गेली. आतां कशीय वावराडी आयल्या. सत्या म्हऱ्यांत वचून आयल्यार कशें? असो विचार श्रीनिवासाच्या मनांत आयलो. पूण वावराडी काय दिसभर आसना. आपलें काम जातकूच वतली. उपरांत परती दनपरां येतली. हांव नासतना हिणें कितेंय केल्यार - असल्या विचारांनी तो भियेलो आनी उठनासतना तसोच न्हिदलो. दनपरां जेवणांक लेगीत उठलो ना.

## 6

सांजेच्या चार वरांचेर अप्पाजी घरा आयलो. भितर वचून आवयकडेन कितेंतरी उलयलो. श्रीनिवास तसोच न्हिदून आशिल्लो. ताच्या म्हऱ्यांत वचून उबो रावलो आनी सांगलें, 'हें पळय. म्हजी कांय हरकत ना. तुगेलो हट योग्य आसत नाजाल्यार तुगेले आवयचो हट योग्य आसत. आमचीं जाण्टीं मनशां गांवात रावतात. तुमी दोगांय म्हजेवांगडा गांवात चलात. ते जें कितें सांगतले तशें करात.'

तो कांयच उलयलो ना. मंत्र्यान परतें एक फावटी तेंच सांगलें.

'तो गांवठी जाणटेलो कितें सांगतलो तें म्हाका खबर आसा. हांव येवचों ना.'

'गांवठी जाणटेलो! आनी तूं कितें दिल्लींत जल्माक आयला? तूंवय त्याच गांवात जल्मल्लो आनी हायस्कूलमेरेन थंयच शिकला. हालींसरा पांच-स वर्सां म्हैसूरांत रावता म्हूण चड मिरोवं नाका. आजो सांगतलो तें आयकून घे. तू स्वतंत्र आसा. तागेलें सांगप तुका पटलें ना जाल्यार तुगेल्या मर्जीप्रमाण तूं वागपाक शकता.'

ताणें बायलेकूय तेंच सांगलें. आग्रो करून तांकां दोगांकूय घांसभर जेवपाक लायलें. होल्डॉल बांदिल्लोच आशिल्लो. तांगेले दोगांयले कपडे घेतले. बंगल्याक कुलप घालें आनी गेटीकडेन उबो राविल्ल्या कॉन्स्टेबलाक सांगून तीं गेलीं. ड्रायव्हराच्या शेजरा श्रीनिवास बशिल्लो. फाटले वाटेन बायलेवांगडा मंत्री बसलो.

आठ वरांचेर तीं गांवांत पावलीं. तितले म्हणसर व्हडल्या गौडांची पुजा जाल्ली. रोखडींच सगळीं जेवपाक बसलीं. निंगम्मान हुनहुनीत रांदप केल्लें.

जणूकाय तीं जेवणाक येतलीं हें खबर आशिल्लें. रंगम्मा केन्नाच मांवांमुखार जेवंक बसनाशिल्ली. तेखातीर ती भितर जेवंक बसली. भायर बापूय आनी श्रीनिवास बसलो आनी व्हडल्या धनयान मुखावयल्या वण्टीकडेन बसून फळाहार केलो.

जेवण जातकीच व्हडलो धनी आपले कुडींतले बाजयेर व्हडल्या कृष्णाजिनाचेर बसलो. हेर तिगांय सकयल शेंदरेचेर बसलीं. आज्यान उलोवपाक सुरवात केली. 'आज्याचें नांव राखतलो म्हूणच नातवाक आज्याचें नांव दवरतात न्हय? तुजें नांव तिरुमलेगौडा अशें कित्याक दवरलें?'

'पूण ताणें तर तिरुमलेश सोडलां आनी गौडाय सोडलां. फकत श्रीनिवास करून घेतलां न्हय.' मंत्री मेलगिरीगौडान म्हणलें.

'श्रीनिवास म्हळ्यारूय तेंच नांव. सांगपाचें म्हणल्यार भुरग्यांनी घरांतल्या जाण्टेल्यांचो मान राखूंक जाय.'

'आज्या, तुमी कितें म्हणटात तें म्हाका खबर आसा.' इतलो वेळ ओगी बशिल्ल्या श्रीनिवासान म्हणलें. 'तुमचो अपमान जावपासारकें हांवें कांयच केलें ना.'

'केलें ना. पूण करपाक गेल्लो न्हय. रजिस्टर लग्न करप म्हणल्यार कितें बऱ्या घराण्यांतल्या लोकांचें काम? 'स्वधर्मे निधनं श्रेयः' अशें परमात्म्यानूच सांगलां न्हय? आमचो धर्म खंयचो? त्याच धर्माची चली हाडूनच लग्न जावपाक जाय. तूं एका राजघराण्यांत जल्मला. तुवें बापायचो राज्यकारभार पळोवपाक जाय. क्षत्रियांचें रगत तुजें. आनी तूं त्या पुरोयताचे चलयेकडेन लग्न जावपाक भायर सरला? हाका कितें धर्म म्हणटात?'

'आमी स्वताक क्षत्रिय म्हणून घेतल्यार लेगीत आमी क्षत्रिय जावचे नात. धा-पंदरा वर्सांसावन तुमचे तकलेंत होच विचार घुंवता. आतां सोडून दियात तें' अशें नातवान म्हणलें.

'पळयलें?' आज्यान चल्याक म्हणलें, 'वागाचो प्रभाव आसून लेगीत स्वताक सुण्याचें पील मानपी ह्या वागाच्या पिलाक कितें करपाचें? तूं गांवचो पटेल आसा हें फट? गांवाभोंवतणी जमीन आसा हें फट? आमी रस्त्यावयल्यान गेल्यार वारांदार बशिल्ले लोक आदरान पांय म्हऱ्यांत घेवन बसतात तें फट? देवान दिल्ल्या वैभवाक खोंट मारतल्या ह्या कर्मकट्ट्याक कितें म्हणपाचें?'

'आज्या, हो अहंकार. पाळेगारपण, पटेलपण हीं आतांच्या काळांत चलनात. आतां प्रत्येकाच्या गुणांवयल्यान ताका मान दिवपाक जाय. जात-पात सगळें फट.'

आज्याक राग आयलो. ‘तू वक्कलिग घराण्यांत जल्मांक आयलां तें फट काय कितें? वक्कलिग आवयच्या पोटांत जल्माक आयलां हें फट?’

व्हडलो धनी असल्या तरेच्या वादान आपल्याची बाजू अपंगूळ करून वडयता हें मंत्र्याचे नदरेंत आयलें. ताणें मदींच तोंड घालें ‘कितलेंय बदल्ल्यार ह्यो आपआपल्यो रिती-पद्धती आमकां सोडूंक जावच्यो नात. मूळ तुटिल्लें झाड लेगीत जगूंक शकना. हीच गजाल ते विंगड तरेन सांगतात. महात्मा गांधी अहिंसा म्हूण जे सांगताले तेंच मुख्य. राव सांगतां.’ म्हणत तो कुडीभायर आयलो आनी उलो मारलो. ‘येऽ कोण आसा रे थंय?’ अशें म्हणटकीच नोकर मुखार येवन उबो रावलो. ‘पुरोयताचे यंग्टेशाक घेवन यो. धांवन वच’ अशें म्हूण ताका धाडलो.

वेंकटेश येसर तो आनीक कांयच उलयलो ना. कुडीच्या दाराकडेन काळेगौडा आनी निंगम्मा जोडयेन उबीं राविल्लीं. व्हडलो धनी आनी मंत्री आसतना भितर येवन बसपाइतली धिटाय तांच्या आंगांत नाशिल्ली. धा मिणटांभितर वेंकटेश आयलो. मंत्री बशिल्लो थंयच शेंदरेचेर येवन बसलो. वेंकटेश आनी श्रीनिवास सारकेच वयाचे आशिल्ले. वेंकटेशान आपूण जावन श्रीनिवासाक म्हणलें, ‘कितें सायबा राजकुमार, कसो आसा?’

मंत्र्यान म्हणलें, ‘वेंकटेश, तुवें कांयच लिपोवन दवरिनासतना मेकळेपणान उलोवंक जाय. ह्या लग्नाच्या संबंदांत तुमगेल्या घरांत कितें चल्लां? तुगेलो बापूय कितें म्हणटा? खरें तें सांग.’

‘अप्पा, आनीक दोन म्हयन्यांनी हरहर म्हादेव करतलेशे दिसता. बेंगळूरांतल्यान येतसावन आयजमेरेन ते सारके जेवले नात. भायर कोणाक तोंड दाखयनात. गांवातले अय्यंगार आनी माध्व एकठांय येवन आमकां स्मार्त लोकांक नांवां दवरतात. फुडल्या म्हयन्यांत म्हजे आवयचें श्राद्ध आसा. स्मार्तांपैकीं कोणूय ब्राह्मणाक आयले नात जाल्यार कितें करपाचें हो प्रस्न आमकां पडला.’

इतलो वेळ ओगी राविल्ल्या रंगम्मान मदींच तोंड घालें. ‘आयकलें मल्लेशा! वेंकटरमणय्या म्हणल्यार आमचे घराण्याचे गुरू न्हय? तांगेले चलयेक बाटयली जाल्यार तुगेर भुरगीं कशीं जातलीं?’

वेंकटेशाचो बापूय वेंकटरमणय्या वक्कलिग घराण्याचो गुरु हें खरें. श्रीनिवास ह्या गांवात हायस्कुलांत शिकतना शेनवारा उपाशीं पोटार आपल्या घराण्याच्या देवाक, तिरुमलास्वामीच्या दर्शनाक वतालो. वेंकटरमणय्या भक्तीभावान मंगळारत दाखोवन दिल्ल्या तीर्थ-प्रसादाचो स्विकार करतालो.

म्हाळ म्हयन्यांत उमाशे दिसा पित्रां नांवान दिल्ल्या नवग्रह दानाचो स्विकार करपाक तोच येतालो. त्या वेळार घरांतले सगळे, श्रीनिवासाचो बापूय, आजो लेगीत नमस्कार करताले. फाटल्या चार वर्सांत मात आज्यान ब्राह्मणांक नमस्कार करपाचो सोडिल्लो. तो उब्यांनीच हात जोडटालो. पूण नवग्रहदान मात चुकनासतना करतालो. तशें पळोवंक गेल्यार गांवात हो एकलोच पुरोयत नाशिल्लो. भोंवतणच्या रयतां वाड्यार घरांतले धार्मिक विधी करपाक विंगड पुरोयत आशिल्लो. पूण ते वेंकटरमणय्या इतले विद्वान नाशिल्ले. ते मंत्र गुणगुणटाले तें आयकूंक येतालें. ते गांवाचे गौड म्हूण वेंकटरमणय्या फकत तांगेल्या घरच्या दानाचो स्विकार करतालो. देवाच्या देणगी रुपांत मेळिल्ले जमनी शिवाय वेंकटरमणय्यांक तांची स्वताची जमीन आशिल्ल्यान तांकां भटपण करपाची व्हडलीशी गरज नाशिल्ली.

श्रीनिवासाकडेन वळून वेंकटेशान म्हणलें, 'पळय सायबा, तुमी सगळे शारांनी शिकिल्ले. ह्या गांवठी लोकांचें आनी कितें अशें दिसतलें तुका. पूण तुजीं सगळीं मनशां, तुगेले आवय-बापूय सोयरीं- दायरीं गांवातूच आसात. हांगेल्या जिविताचें नरक करून थंय शारांत तुमगेलें जिवित सुखांत वचचें ना. त्या गाडवाची तकली फिरल्या. पूण तुजेसारकिल्या समजिकायेच्या भुरग्यान हट्ट करून अशें लैला-मजनूभशेन वागचें न्हय. आपलो बापूय, आजो, पणजो हांचे प्रतिशठेप्रमाण वागपाक जाय. 'विनाशकाले विपरीत बुद्धी' अशें जावचें न्हय.'

वेंकटेश परिक्षेंत नापास जालो तरी उलोवंक हुशार हें श्रीनिवासाक खबर आशिल्लें. हायस्कुलांत वेंकटेश श्रीनिवासापरस दोन वर्सांमुखार आशिल्लो. पूण तो इंटरमिजियेटाक कित्याक नापास जालो हें श्रीनिवासाक खबर आशिल्लें. पूण आतां तो गांवांतलो एक व्हडलो मनीस जाल्लो. पुराय तालुक्यांत अप्पाजींक वेंचणुकेंत तो आदार करूंक शकतालो हेंवूय ताका खबर आशिल्लें. ताका अपुरबायेन समजावंक जाय. चार अंधविस्वासी मनशांच्या मनाचो विचार करून ह्यो चालीरिती मोडिनासतना रावल्यार आमगेली मुखावयली पिळगी भिवन कांयच करची ना. मागीर हे रूढींचो बांद तोडपाचें श्रेय आमीच कित्याक घेवचें न्हय? अशें म्हणनशें दिसलें. पूण वेंकटेश हुशार, धर्मशास्त्र आनी गीता-उपनिषद हाचो तो जाणकार, तातुंतलो खंयचोय श्लोक घेवन वाद घालूंक शकता. सत्या आशिल्लें जाल्यार होच कित्याक, तागेल्या बापायचो वाद लेगीत असोच सहजतायेन बंद उडयतलें आशिल्लें. सत्यामुखार तोंड उक्तें करपाचें

कोणाकूच काळीज ना. ताका सत्याचो अभिमान दिसलो. पूण तो वाद घालपाक गेलो ना.

इतल्यान काळेगौडा आनी निंगम्मा दोगांय भितर आयलीं. तांचें नातें म्हणल्यार तीं दोगांय श्रीनिवासाचे काका आनी काकी लागतालीं. भितर येवन काळेगौडान म्हणलें, 'कितें रे बाब, इतले सगळेजाण जीव तोडून सांगतात जाल्यार तूं आपलेंच खरें म्हणटा. असो वागलो जाल्यार तुगेलें बरें कशें जातलें? पाळेगार घराण्यांत अशें जाल्यार गांवचे लोक हांसचे नात?'

निंगम्मान मदींच म्हणलें, 'गांवच्यो सगळ्यो बायलो हांसतात.'

हीं सगळीं आनी म्हजो आजो आपल्या निर्णयाचे विरुद्ध उलयतले हें श्रीनिवासाक पयलींच खबर आशिल्लें. हातूंत तागेले कल्पनेप्रमाण अपेक्षित नाशिल्लें तें म्हणल्यार बापायन वेंकटेशाक आपोवन हाडिल्लो. पूण गांवात येवपाक हांव कित्याक तयार जालों? अप्पाजी येतकीच तांचेर आवयची जापसालदारकी सोंपोवन कित्याक घरांतल्यान भायर सरलों ना? सत्याक मेळून तागेल्याच रूमार रावंक जाय आशिल्लें. राजेगौडान सांगिल्लोच मार्ग योग्य आशिल्लो. चार इश्टांमुखार शास्त्र करून दिसाळ्यांत जायरात दिल्यार जाताली. हें सगळें एकाच सूरांत उपदेश करूंक लागतकीच तिडकूवप तर पयसूच उरलें, जाप दिवपाची लेगीत इत्सा जाय नाशिल्ली. हाचेर उपाय ना असो ना. सत्याकडेन वा हेर इश्टांवांगडा उलयतना, कॉलेजींत वाद-विवाद स्पर्धेंत वांटो घेतना हाचे वयले कितलेतरी आरते-परते मुद्दे श्रीनिवासानूय आयकल्ले.

ताणें स्वता खूब फावटीं वाद घाल्लो. तरीकूय उलोवचें दिसलें ना. हे जे कितें उलयतात ते मूर्खपणा आनी रूढीविशीं अशें ताचें अंतर्मन सांगतालें. आतां ते सांगतात ते प्रमाण वागचें पडटलें. तो थंयच्यान उठलो आनी दुसरे कुडींत गेलो. गांवात येतकीच तो हे कुडींत न्हिदतालो.

व्हडल्या धनयाचे कुडींतूय कांयवेळ शांतताय पातळ्ळी. बशिल्ल्या लोकांनी कांयच म्हणलें ना. पांच मिणटांनी वेंकटेशान म्हणलें, 'सिनेमा पळयतात सिनेमा. ताचोच परिणाम हो. तरणाटेपणांत लैला- मजनूची कथा तकलेंत भरिल्ली आसता. मात्शें ताणून धरल्यार तकलेंतलें भूत भायर सरून वतलें.'

मंत्री वेंकटेशाक माळयेवयल्या आपले न्हिदपाचे कुडींत घेवन गेलो. बोरनिंगप्पाच्या वेंचणुकेक आतां फकत आठूच दीस उरिल्ले.

## 7

श्रीनिवास उठलो तेन्ना सकाळचीं सात वरां जावन गेल्लीं. घराचे फाटले वटेन कोनशाक धा वर्सांपयलीं सॅप्टीक टँक बांदिल्ल्या संडासांत वचून आयलो. तितले म्हणसर आवय ताच्या म्हच्यांत आयली. निकतीच न्हावन ती रूंद देगेचें पातळ न्हेशिल्ली. तिणें म्हणलें, 'देवळांत वचून येवया बेगीन न्हावन यो.'

'हांव येना.'

'कुळदेवाक येवचो ना म्हणनात.'

'खंयचोय देव आसूं, हांव थंय येवचों ना. जाय जाल्यार तूं वच.'

'रातीकडेन जात-धर्म ना म्हणटालो. आतां देवूय ना म्हणटा काय कितें?' अशें आवयन रागान म्हणलें. आनी तिगेल्या दोळ्यांतल्यान दुकां आयलीं.

'तूं जल्मल्लो तो ह्या देवाची आंगवण करून. तूं जाणा? लग्न जावन पांच वर्सां जाल्लीं तरीकूय भुरगें जावंक नाशिल्लें. मागीर तुगेलो गर्भ धरचो ना अशें दिशिल्लें. म्हूण देवळाच्या कळसाक भांगराचो पत्रो लायतलों म्हूण सांगणी करतकीच तूं जल्माक आयलो. आतां तूं तो देवूच ना म्हणटा? फाल्यां बापायक तूं जल्म दिल्लो बापूयच न्हय म्हणटलो?'

वाद इतले पातळेचेर पाविल्लो, श्रीनिवास सामको निर्शेलो.

श्रीनिवासान विचारलें, 'तुमी बेंगळूरांत केन्ना वतलीं?'

'तुगेल्या अप्पाजींक विचार.'

'तुमी जाय तेन्ना येयात. हांव णवाचे बशीन वतां.'

ती मंत्र्याक विचारून आयली आनी म्हणलें : 'ते हांगाच गांवांत वचून येतात खंय. तितले म्हणसर आमीं दोगांय देवळांत वचून येवया. तूं एकलोच मुखार वचून कितें करतलो?'

निमाणें मनांत नासतना लेगीत श्रीनिवासान देवळांत वचपाचें मान्य केलें. न्हावन तो पुडवें न्हेसलो आनी वयर शर्ट घालो. तागेले आवयन केळीं, नाल्ल, फुलां, हळद-कुकूम, उजवात्यो, खावची पानां आनी सुपारी एक व्हडल्या रुप्याचे तबकडेंत घालून ती घेतली. तो तिचे फाटोफाट वचपाक लागलो. रस्त्यावयल्यान वतना आपापल्या घरांत बशिल्ले दादले-बायलो तांकां पळयताल्यो. अय्यंगाराच्या वाड्यावयल्यान वतना एक जाणटेलो तामीळ भाशेंत एके जाणटेलेक म्हणपाक लागलो, 'देवळांत वतात दिसता. शूद्रांकडेन संबंद जोडटकूच वैष्णवांच्या दैवताची पुजा करपाचो अधिकार त्या स्मार्तांकडेन

कसो उरतलो? तो मंत्री म्हणटा तशें आयकून घेतल्यार कशें जातलें? म्हाराजाकडेन वचून कागाळ करची पडटली.'

किल्ल्याच्या उत्तर भागाच्या धाकट्या दारांतल्यान भायर सरून मोटारीचो रस्तो हुपून बांदावयल्यान चलून तीं देवळांत पावलीं. तितले म्हणसर सुर्याचीं किर्णां वयर सरिल्लीं. देवळाच्या कळसाकडेन तागेलें लक्ष व्हरून तिणें म्हणलें, 'पळयलें! तूं जल्मल्लो त्यावेळार भांगराचो पत्रो लायिल्लो हो कळस कसो चकचकता पळय.' तो हांगा काय पयले फावटी येवंक नाशिल्लो. तो भांगरान न्हेसयिल्लो कळस काय ताणें पयले फावट पळोवंक नाशिल्लो. भोंवतणच्या धा खेड्यांतलेगीत सगळ्यांक खबर आशिल्लें. तरिकूय आवयन दाखयलो म्हूण पळयलो. सुर्या किर्णांनी तो चकचकतालो. पयसो आसा म्हूण पटेलाच्या घराण्यान आपलें व्हडपण दाखोवपाखातीर केलां हें! फाटल्या दिसांनी केन्ना हो विशय आयिल्लो तेन्ना सत्यानूच उलोवन दाखयिल्लें. खरें म्हत्व भक्तीचें. जांकां भांगराचो पत्रो करून कळसाक घालपाची आस्पत ना तांणी आंगवण करपूच ना काय कितें? खऱ्यांनीच ह्या नवसान हांव जल्मल्लों काय?

देवळाच्या मुखेल दारांतल्यान भितर वतकूच आवय गर्भकुडीक उजव्यान घालून फाटले वटेन गेली. देवळाची फाटली वणत म्हणल्यार गर्भकुडीची फाटली वाट बागवल्ली. तिका खूबकडेन धिगयो लायिल्ल्यो. अश्यो धिगी लावन कितले दीस चलतलें? पुराय वणत परती बादूंक जाय. हालींसरा असलें काम करपी कामगार खंय मेळटात? बेंगळूरांतल्या सरकारी इंजिनियराकूच आपोवंक जाय. श्रीनिवासाचें बऱ्या चलयेकडेन लग्न जावन तिगेर चलो जालो काय ना, म्हजें सपन पुराय जालें. तेन्ना आवयन फकत आपल्याच सपनाचो विचार केलो.

देवळांत पुजा करपाक वेंकटेश येतलो हाची श्रीनिवासाक जाणविकाय आशिल्ली. पूण भितर गर्भकुडींत वेंकटेशाचो बापूय वेंकटरमणय्या देवाच्या पांयार फुलाचेर फूल घालतालो. ह्या दोगांयकडेन तागेलें लक्ष नाशिल्लें. गर्भकुडीच्या दारांत तीं दोगांय उबीं आशिल्लीं. वेंकटरमणय्यान एक हजार आठ फावटीं जप केलो काय कोण जाणा. श्रीनिवासाक कळ्ळें ना. पंदरा मिणटां पुजा चलली. देवाक निवेद्य दाखोवन आरत करपाची आशिल्ली. वेंकटरमणय्यान आपणे हाडिल्ल्या केळ्याचो कुडको तोडून निवेद्याक दवरता म्हणटासर रंगम्मान म्हणलें, 'आमगेल्या फळांचो, नाल्लांचोय निवेद्य दाखयात'. वेंकटरमणय्यान फाटल्यान वळून पळयलें. श्रीनिवासान ताका स्पश्ट पळयलो. दोन म्हयन्या पयलीं श्रीनिवासान ताका पळयिल्लो. आतां ताची भलायकी साप्प

देंविल्ली. आंगार पांगुरिल्लें उपरणें कुशीन गेल्ल्यान हड्ड्याच्यो बरगड्यो दिसताल्यो. रंगम्मान दिल्लें पूजेचें साहित्य ताणें घेतलें. केळें अर्दवट सोल्लें. नाल्ल फोडलो. फूल हळद-कुकूम सगळें घालें. आपल्या घराण्याचे पुरोयत अशे झिजतात तें पळोवन श्रीनिवासाचें मन ताचे ताका खावपाक लागलें. हांचो जाती- धर्मावयलो विस्वास कितलो बळिश्ट आसा! तांगेर जल्माक आयिल्ल्या सत्याची विचारशक्त कितली प्रबळ आसा! ह्या विचारांसरशी श्रीनिवासाक सत्याचो अभिमान दिसलो. इतले म्हणसर व्हडले वातींची मंगळारत एके तबकडेंत घेतली आनी दाव्या हातान घांट वाजोवन उजव्या हातान मंगळारत सावकासायेन ओंवाळपाक लागलो. देवाची उंच मूर्त ताचेर उठून दिसपी पुडवें, लकलकपी भुजकिर्ती, गळ्यांत चकचकीत तीन हार, काळें तोंड आनी दोळ्यांची रुप्याची लिकलिकपी पट्टी, कपलाचेर चकचकपी गंध, माथ्यावयलो लकलकपी तांबड्या, धव्या, निळ्या, पाचव्या, हळडुव्या मण्यांचो मुकूट चेहऱ्याम्हऱ्यांत आयिल्ली मंगळारत थंयच थांबली. घांटीचो आवाज मात तसोच आशिल्लो. श्रीनिवास देवाची मूर्त, दोळ्यांची पट्टी पळयतालो. मंगळारत दोन मिणटां चलिल्ली. श्रीनिवासाच्या सगळ्या आंगाक हूम आयली. तकलीय गिरगिरलेवरी जावंक लागिल्ल्यान ताणें दाराचे चौकटेचो आदार घेतलो. पूण परती तकली वयर करून मूर्त पळोवपाची धिटाय ताका जाली ना. नदर सकयल केली. तकली घुंवपाची कमी जाली तरीकूय ताणें मूर्त पळोवपाची टाळ्ळी.

मंगळारत आनीक कायंवेळ चलली. कांय ताकतिक नाशिल्ल्यान वेंकटरमणय्यान प्राकारांतल्या हेर देवतांच्या मूर्तींक आनी मदले वळींतल्या खांब्याक उंवाळून जातकूच आरत रंगम्माकडेन व्हेली. व्हडाभक्तीन रंगम्मान चार आणे देवा ताटांत घालून आरतेवयल्यान हात भोंवडावन आपल्या दोळ्यांक लायलो. वेंकटरमणय्यान श्रीनिवासाच्या मुखार मात आरत व्हेली ना. भितर गेलो. उपरांत रुप्याचें तीर्थपात्र घेवन आयलो आनी तिका तीर्थ दिलें. श्रीनिवासाक पळोवंक नाशिल्लेवरी करून पुरोयत भितर गेलो.

आतां, आवयक रावंनज जालें आनी तिणें म्हणलें, 'भुरगेपणां तीं ताचीं. ताचें चुकलें. तुमी अशे रागार जावंनाकात. तुमी तीर्थ दियात ताका.' पुरोयत कांयच उलयलो ना. तीर्थूय दिलें ना.

एक मिनीट रावन तिणें म्हणलें, 'ताचेकडेन पळोवंनाकात. आमी सगळीं आसतना हें लग्न जावंक दिवचीं नात. तुमी तीर्थ दियात ताका.' तो भितरल्यान तीर्थपात्र घेवन ताच्या म्हऱ्यांत आयलो. पूण श्रीनिवासान हात मुखार केलो ना.

'देवामुखार तुगेलो अहंकार नाका. हात मुखार कर' अशी आवय व्हडान आड्डली. आनी तागेल्या हातांत चार आण्याचें नाणें फोर्सान दवरलें. श्रीनिवासान तें नाणें ताटांत घालें आनी हात मुखार केलो. हाताचेर पडिल्लें दूद-उदक भरसल्लें तीर्थ ताणें तोंडांत घालें.



# पांच

## 1

सब-रजिस्ट्राराच्या ऑफिसांतल्यान येवन दोन दीस जाल्ले. तरिकूय श्रीनिवास सत्याक मेळपाक आयलो ना. तें पळोवन सत्या विचारांत पडलें. ताचेर आकांत आयलो. श्रीनिवासान रागान वचून कसलीं तरी वायट उतरां दिलीं आसतलीं आनी तांणीय रागान कितेंय म्हणलें आसतलें म्हूण सत्याक भंय दिसूंक लागलो. पूण कितें केलें आसतलें हाचे विशीं कांयच कळ्ळें ना. हो रागाभारान गेल्लो थंयच चुकलें. तिडकल्ल्या मनशाक केन्नाय हार घेवची पडटा. ते मंत्री. खंयच्याय सरकारी ऑफिसामेरेन तांचे हात पावंक शकतात. पूण हांगासर काय नवाबसरकार ना. मोगल सरकार आशिल्लें जाल्यार जितें आसतनाच म्हाका समाधी दिवन ताचेर विटांनीं बांदून काडटलें आशिल्लें. पूण तशें पळोवंक गेल्यार हो देश बरोच मुखार गेला. तिसऱ्याय दिसा तो आयलो ना. कशेय भशेन ताका मेळोवन घेवचें अशें ताका दिसलें. ताचेकडेन उलोवंक जाय ह्या विचारान तें आकूळ-पिकूळ जालें. श्रीनिवासाक मेळून ताची खबर सांगपी अशी एकूय व्यक्ती तागेले वळखिची नाशिल्ली. कारण सत्याक बेंगळूरांत येवन तशे खूब दीस जावंक नाशिल्ले. सब-रजिस्ट्रार ऑफिसांत आयिल्ले तिगांयचे पत्ते वा फोन नंबर विचारून घेवचे अशें त्यावेळार सत्याच्या लक्षांत आयलें ना.

कितेंय जावं अशें म्हूण तें शेजरा हॉटेलांत गेलें. आनी चार आणे दिवन ताणें मंत्र्याच्या बंगल्यार फोन केलो. 'घरांत कोण ना. सगळीं गांवांत गेल्यांत' अशें तागेल्या पी.ए. न सांगलें. म्हणल्यार गांवांतल्या चार लोकांकडल्यान चार विचार आयकुपाचे आसतले. कितल्याय जाणांनी सांगलें म्हणून आमकां जाय तें करपाचें स्वातंत्र्य आमकां आसा. जेमेरेन आमी आमच्या विचारांकडेन प्रामाणिक आसात तेमेरेन हेर कोणूय आमकां कांयच करूंक शकचे नात. ह्या विचारांनी ताणें आपल्याकूच समजायलें.

त्याच दिसा दनपरां तीन वरांचेर तास सोंपतकूच तें भायर येनाफुडें शिपायान येवन प्रिन्सिपलसायब आपयतात म्हूण सांगलें. खोडवान धवीं जाल्लीं बोटां

धुवन तें प्रिन्सिपलसायबांच्या कुडीकडेन गेलें. प्रिन्सिपल राजाराय सत्तावन्न वर्सांचे आशिल्ले. सरकारी कॉलेजींतल्यान सेवा निवृत्त जावन ह्या कॉलेजींत आयिल्ले. भुरग्यांक योग्य शिक्षण दिवन कॉलेजीचें नांव मुखार व्हरचें म्हूण ते खूब धडपडटाले. सत्या थंय वतकूच तांणी आपलेपणान ताका येवकार दिलो, 'गूड आफ्टरनून! टेक युवर सीट' अशें म्हणलें. ताचो वर्ग, विद्यार्थी-विद्यार्थिनी आनी अभ्यासक्रमाविशीं मात्शें उलोवन तांणी म्हणलें, 'मात्शें वैयक्तीक विशयाचेर उलयतां म्हूण रागार जावं नाका. तुका आवडना जाल्यार पयलींच सांग.'

'पूण विशय कळ्ळेबगर हांव कशें सांगूं?'

'तुगेल्या लग्नाविशीं.'

सत्याक अजाप दिसलें. ही बातमी प्रिन्सिपलाक कशी कळ्ळी? मंत्र्यानी कळयलें आसतलें. ते कितेंय करूंक शकतात. चडांतचड कितें करतले? नोकरेवयल्यान काडून उडयतले. इतलेंच. असो विचार तागेल्या मनांत आयलो. आनी ताणें म्हणलें, 'सर, हांव काय लिपून चोरयेन लग्न करना. जर तुमकां वो हेर अधिकाऱ्यांक हांव कॉलेजींत आसप समा दिसना जाल्यार तशें स्पश्ट सांगात. हांव आपूण जावन राजिनामो दितां. ताचो आनी तुमकां त्रास नाका.'

'शी. शी. तुमी रागार कित्याक जातात? तुमचेकडेन वैयक्तिक विशयांचेर उलोवपाक नाका आशिल्लें जाल्यार पयलींच हांवें सांग म्हूण सांगिल्लें. हांवें विचारचे पयलींच तूं कित्याक इतलें उचांबळ जाता?'

'सॉरी, तुमकां जें विचारपाचें आसा तें विचारात.'

'तूं शूद्र भुरग्याकडेन लग्न जावपाचें आसा तें खरें?'

'हय, हांव तो भेदभाव मानिना.'

'तुमी मानिनात, हांवूय मानिनाशिल्लों. पूण हालींसरा हांव मानतां. कित्याक खबर आसा?'

'हय, खबर आसा. विव्दत्ता, प्रामाणिकपण इतले गूण आसतना तुमकां रिटायर जायसर त्याच पदाचेर दवरले. तुमच्या विद्यार्थ्यांभितरूच कांय जाणांची तुमचेपरस वयल्या जाग्यार नेमणूक केली. तांगेले जातींतली भुरगीं आशिल्लीं म्हूण तुमच्या मनांत कोडूसाण येवप हातूंत व्हडलेंशें कांयच ना. हांव इंटर शिकतना तुमी बी.ए.च्या वर्गांत शिकयताले त्यावेळार हांवूंय तुमच्या वर्गाक हाजीर रावतालें. हांवूंय तुमचें विद्यार्थिनी आशिल्लें.'

'खरें? पूण पयलीं केन्नाच म्हाका सांगलें ना तुमी?' सत्याच्या उतरांनी तांकां खूब बरें दिसलें. तांणी मुखार म्हणलें, 'सेवा निवृत्त जावचे ,दोन वर्सां पयलीं म्हाका ॲक्टींग असिस्टंट प्रोफेसर केल्लो. म्हजोच एक विद्यार्थी, सामको

बुद्द नाशिल्लो चलो. ताचें नांव हांव सांगचों ना. ताची गरजूय ना. सांगलें नाजाल्यारूय तुमकां तें कळटलें. शूद्रांतले एके विशिश्ट जमातींतलो तो. आमगेले कोणूच गॅझेटेड पोस्टाचेर ना अशें ताणें वयल्या अधिकाऱ्यांक सांगलें. ह्या कारणाक लागून म्हाका फाटीं दवरून तो जागो ताका दिलो. तो हेड ऑफ द डिपार्टमेंट जालो. आनी म्हजेर ताच्या हाताखाला काम करपाची पाळी आयली. बायल-भुरग्यांची जापसालदारकी म्हजेर आशिल्ल्यान म्हाका त्याच दिसा राजिनामो दिवन घरा येवंक मेळ्ळें ना. कितें करतलों?'

ताचे अणभव आयकून तें अस्वस्थ जालें. पूण ही काय अशेतरेची एकूच घडणूक नाशिल्ली. कांय वर्सांसावन सरकारी नोकरेंतलो तो एक सामान्य नेम जावन आशिल्लो. हाचेर सत्यान बरोचवेळ विचार केल्लो. हाचेवयलें ताचें मत वेगळेंच आशिल्लें. तें ब्राह्मणामुखार उलोवन दाखयलें जाल्यार तांकां मानवचें ना हें सत्याक खबर आशिल्लें. तेचप्रमाण पयलींसावन दुख्खी आशिल्ल्या प्रिन्सिपलाकडेन उलयल्यार ताच्या मनांतली कोडसाण आनिकूय वाडटली ही वेव्हारीक बुद्द सत्याभितर जागी जाली. प्रिन्सिपलान परतें म्हणलें, 'हाचेर कितें म्हणटात तुमी अम्मा? ते तर सगळ्या प्रशासनांत, सगळो देशभर अशें जायतें करपाक शकतात. आमी आमच्या हातांत आशिल्ल्या एक-दोन कॉलेजींनी तुमचे सारकेल्यांक नोकरी दिली जाल्यार आमी जातीभेद पाळटात म्हूण बोवाळ घालतात. उदाहरण दिवपाचें जाल्यार तुमची अपॉयन्टमेंट जावच्या वेळार ब्राह्मणाकूच घेतलें म्हूण कांय जाणांनी टिका केली. तुमी फस्टक्लास फस्ट आसूनय तुमकां सरकारी कॉलेजींत घेवचे नाशिल्ले. आमी घेवंक नाशिल्लें जाल्यार कोण घेतलो आशिल्लो तुमकां?'

'सर, एक प्रश्न विचारतां. म्हजो इंटरव्ह्यूव जाल्लो तेन्ना तुमीय थंय आशिल्ले. म्हज्यो सर्टिफिकेटी सगल्यो पळयिल्ल्यो. म्हाका हे नोकरेचेर घेतना म्हजी पात्रताय पळयिल्ली? काय हांव ब्राह्मण म्हूण म्हजी नेमणूक केली?'

'पळयात, तुमी, यू आर ऍन् इन्टॅलिजन्ट लेडी. म्हजेकडेन गोड उलोवन ताची जाप सोदून काडूंनाकात. हांवूच सांगता. म्हाका कसलो भंय? हांव काय तांगेल्या सरकारी नोकरेचेर ना. ह्या काळांत कामाखातीर मॅरीटवाले जाय तितले मेळटात. आनी फस्ट क्लासवाले मेळ्ळे नाजाल्यारूय सेकंड क्लासवाले तर मेळटाच आशिल्ले.'

आतां सत्याकूय स्पश्ट उलोवचें अशें दिसलें. सत्यान म्हणलें, 'तुमकां वचपाची ताकतिक ना न्हय? फकत धाच मिणटां उलयतां. तुमची परवानगी आसा जाल्यार.'

'उलयात, उलयात. हांव उलोवपाक सदांच तयार आसतां.'

'ते तशे वागतात म्हूण आमीय तशें वागप योग्य न्हय. तांचें अशें वागप हाचेफाटल्यान खूब कारणां आसात. फाटल्या हजारांनी वर्सांसावन तांकां कसलोच अधिकार वा शिक्षण मेळ्ळें ना. आतां तांकां संद मेळ्ळी म्हूण ते मात्शे सूडबुद्दीन वागतात तें सभाविकूच आसा.'

'सभाविक म्हणल्यार योग्य आसा? न्याय युक्त आसा?'

'भारताच्या इतिहासाची सुरवात जायत सावन आयजवेर तुमी केल्लो तो न्याय काय म्हूण ते विचारतात. न्यायाचो अर्थ समजून घेवपाक जाय जाल्यार सगळो इतिहासूच वाचून पळोवचो पडटलो.'

'हय, हय. तुमचो शिकोवपाचो विशयूच इतिहास न्हय!' प्रिन्सिपालाच्या उलोवपांत उपहास दिसतालो. 'मद्रासांत एक जस्टिस पार्टी केल्या न्हय? म्हणल्यार आशिल्ली न्हय? तेवूय हेंच सांगताले. दिवाण अर्काटान जर अशें म्हणिल्लें जाल्यार तातूंत अजाप दिसपासारकें कांयच नाशिल्लें. तुमीय स्वता ब्राह्मण आसून अशे - आसूं वैयक्तीक बाबतींत हात घालचो न्हय. पूण म्हज्या आज्यान, पणज्यान आनी शेणज्यान केल्ल्या पातकाची ख्यास्त आमकां कित्याक? ती एक कोल्याची काणी आसा तुका खबर आसा? तुवें केलें ना, तुगेल्या आज्यान केलें म्हूण. तशेंच जालेंना हें.'

हें उलोवप आनी तांगेल्या उलोवपांतलो सूर हाका लागून ताणें मात्शें तिडकीन म्हणलें, 'आमी आमगेल्या आज्यान, पणज्यान करून दवरिल्ले संपत्तींतलो वांटो हक्कान घेतात, पणज्यान केल्ल्या पुण्यान आपली राखण जावची म्हूण आमी प्रार्थना करतात. पूण तांणी केल्ल्या पातकाची जापसालदारकी मात आमी स्वताची मानपाक तयार नात. हें नितीक नदरेन पळून वचप जालें ना?'

'व्हॅरी गूड ऑर्ग्युमेंट! साहित्यांत वा किरिस्तांव धर्माच्या शोकांत कथेंत हें बरें दिसता. पूण असो वाद धरून बसले जाल्यार कोणूय कोणाक फांसार चडोवंक शकता. जाणे पातकूच केलें ना असो मनीस खंयचेय पिळगेंत मेळप कठीण.'

'ह्या पातक-पुण्याच्या सिद्धांताचेर म्हजो विस्वास आसा अशें म्हाका सांगपाचें ना. ते जें कितें करतात तें योग्य आसा अशेंय म्हाका निखालस म्हणपाचें ना. आयजवेर कांय वेवसाय थाराविक जातींतले मनीस करताले. आतां समाज बदलत आसा. जात आनी वेवसाय हांचो एकमेकांकडेन संबंदूच उरूंक ना. जे वेवसाय आमी करताले ते आतां तेवूय करतात. तांचेर वायट

उतरांचो शिंवर करचे परस आमीच आमचो विंगड वेवसाय कित्याक सोदून काडचो न्हय?'

'पयलींसावन करून आयिल्लो वेवसाय बदलवप म्हणल्यार हो कितें ल्हान भुरग्यांचो खेळ? तुमी शिकोवपाच्या क्षेत्रांत कित्याक आयलीं? दुसरें कितेंय कित्याक केलेंना?'

हो प्रस्न ताच्या मनाक लागलो. प्रिन्सिपलान बेश्टोच उदाहरण म्हूण हाचो उल्लेख केल्लो काय मुद्दाम म्हाका खुबळावपाखातीर म्हूण ते तशे उलयले? हें जाणून घेवप म्हत्वाचें आशिल्लें. अंतर्मूख जावन सत्यान आपल्याकूच प्रस्न केलो. हांव ह्या वेवसायांत कित्याक आयलें? शिकूंक हुशार आशिल्लें म्हूण. आनीक शिकचें अशें दिसप सभाविकूच आसा. असल्याच लोकांनी प्राध्यापक जावप. हेर वेवसाय वेंचले जाल्यार आपल्या मनांतली इत्सा पुराय जावची नाशिल्ली. म्हूण हांवें हो वेवसाय केलो. पूण ब्राह्मणांतल्या खूबशा जाणांक दुसऱ्या कसल्याच धंद्याची फाटभूंय आसना. शिक्षण आनी नोकरेमेरेन तांची फाटभूंय आनी हावेस मर्यादीत आसतात. तांच्या हावेसांचेर विर्जण घालप हो कसलो न्याय? असो एक विचार मनांत आयलो.

पूण सत्याचो मूळ दृश्टीकोण विंगड आसलो. सत्यान म्हणलें, 'जण एकल्याक आपापले अपेक्षेप्रमाण वेवसाय मेळप होच खरो न्याय. आनी तशेंच आसूंक जाय. तागेल्या समाजांतले लोक आतां शिकतात. तेवूय शिक्षक आनी प्राध्यापक जावपाची आस्त बाळगितात. ल्हानपणासावन भुरग्यांचेर कसलेंच चेपण हाडिनासतना तांकां सगळ्या धंद्यांची वळख दिली जाल्यार जात आनी ताची आवड हाचो संबंद उरचो ना. जातीची वाड जाली ती फकत वेवसायाच्या आदाराचेर. आतां जातीचे निर्धारीत शिमेक धंदो आनी पदवेंतल्यान वेगळे दवरपाचे दीस आयल्यात. खरें म्हणल्यार, दोगांय मदले संबंदूच आता गळसणून पडल्यात. तेखातीर पोरणे काळांतली 'जात' ही संकल्पनाच सोडून दिवप हेंच खरें शाणेपण.'

सत्याकडेन वाद करत रावप प्रिन्सिपलाक बरें दिसलें ना. ताका सत्याविशीं खूब अभिमान दिसतालो. कित्याक तर तें विद्यार्थ्यांक बरें भाशेन शिकयतालें, तशेंच आपलेच जातीचें चली म्हूण ताका चार समजिकायेच्यो गजाली सांगपाखातीर आपयिल्लें. पूण तागेलो वाद समाज, नीत, धर्म आनी हेर विशयांचेर वळिल्ल्यान सत्यान चर्चेची शिमूच हुपिल्ली. हाका आनीक कितेंय सांगून लेगीत ताच्या विचारांत फरक पडचो ना हें प्रिन्सिपालाच्या लक्षांत येवनूय आतां ओगी बसप तागेल्या पदाक सोबसारकें नाशिल्लें. ते खातीर ताणें

म्हणलें, 'आमी जाती सोडून दिवपाक तयार आसून लेगीत तेच आमचेर जातींचीं बंधनां घालतात न्हय.'

'आमींय बंधनां सामकीं सोडलीं नात. आमी आमगेल्या चलयांक लग्न करून तांगेर खंय दितात? आनी तांगेल्यो चलयो आमगेर खंय हाडटात?'

'लग्न म्हणल्यार ल्हान गजाल न्हय. ते कितलेय शिकले तरिकूय तांगेले वागणुकेंत आनी संस्कृतायेंत खूब फरक जाणवता.!'

ही गजाल मात सत्याच्या मनाक लागली. दोन जातींमदलो संस्कृतीक फरक खेड्यांत राविल्ल्या सत्याक खबर आशिल्लो. पूण हो फरक नानपयत कसो करपाचो? आमी एकमेकांमदीं भरसून गेलेबगर हो फरक नानपयत जावचो ना. आनीक दोन-तीन पिळग्यो जातकूच आनी तांचेमदीं शिक्षणाचें प्रमाण वाडटकीच तो कमी जातलो. पूण जें आमकां अपेक्षीत आसा, न्यायाक धरून आसा ताची अपेक्षा अशा भुरग्यांकडल्यान कित्याक करची, जे अजुनूय जल्माक येवंक नात? आमीच ही गजाल कित्याक करून दाखोवची न्हय? असो सत्याचो दृश्टीकोण आशिल्लो.

ही भासाभास अशीच चालू दवरपाक प्रिन्सिपालाची तयारी नाशिल्ली. ताणें सत्याक वाद करपाखातीर आपोवंक नाशिल्लें. हांव ताच्या बापायसमान हें वळखून घेवन म्हाका मान दिवपाचे बदला, म्हाका आपलेच बराबरीचो समजून तें वाद-विवाद करूंक लागलें. हाचेवयल्यान तें फकत चार गजाली आयकून, समजून घेवंक तयार ना हेंवूय प्रिन्सिपलाच्या लक्षांत आयिल्लें. निमाणे ताणें म्हणलें, 'तुमची इत्सा! तुमी जाय तशें वागपाक स्वतंत्र आसात. पूण तेखातीर आमगेल्या समाजाकूय वायटपण येता हें लक्षांत दवरात. ते आमगेल्या समाजाकूच नांवां दवरतले म्हूण रावंनज जावन हांवें तुमकां सांगलें.' आनी तांणी आपलें उलोवप थांबयलें. तेन्ना ताचो चेहरोच फकत उतरलो इतलेंच न्हय तर ताच्या चेहऱ्याचेर अपमानाची भावना दिसून येताली.

तें पळोवन सत्याक खूब वायट दिसलें. 'म्हाका माफ करात सर. तुमकां त्रास दिवपाची म्हजी निखालस इत्सा नाशिल्ली. म्हाका जें दिसता तें हांवें सांगलें इतलेंच. पूण तुमकां ही गजाल कोणे सांगली?'

'अशेंच उलयतां उलयतां खबर आयली आनी कळ्ळें. मॅनेजींग कमिटीच्या मेंबराकडेनूय ही गजाल पावल्या अशें दिसता. हांव तुमचें बरें मागपी. तुमी हाचेर विचार केल्यार बरे जातलें. नाजाल्यार मागीर तुमची इत्सा.'

हाचेर उलोवन कांयच जावचें ना हें लक्षांत आयिल्ल्यान सत्या उठून उबें रावलें. 'तुमकां म्हजेविशीं अभिमान आसा हें कळ्ळें. तुमी म्हज्या कानार ही

गजाल घाली तेखातीर हांव तुमचे उपकार मानतां.' अशें म्हणून प्रिन्सिपलाक नमस्कार करून तें थंयच्यान भायर सरलें.

**2**

गांवांत मुळावे शाळेंत शिकतना सत्याची इश्टीण होन्नम्मान एक दीस वालीरोटी करून हाडिल्ली. आवय नाशिल्ल्या सत्याच्या घरांत असलीं खाणां कोण करतलो? अप्पाच रांदप करताले. शीत, सार वा रोस आनी अदींमदीं सांजो, असले सोंपे जिनस सोडले जाल्यार चड तकालस घेवन विंगड विंगड जिनस करिनाशिल्ले. होन्नम्मान दिल्लें सत्यान खालें. शूद्रांच्या घरांत शिजयिल्लो जिनस खावचो न्हय ही गजाल सत्याक खबर आशिल्ली. पूण तेन्ना लेगीत ताच्या मनांत विचार येताले, कित्याक खावचें न्हय? एकेच बांयतलें उदक तेय वापरतात आमीय वापरतात. तें उदक घालून शिजयिल्लें भश्ट कशें जाता? गंगेक अनवाळपण ना आनी दुदाक कसलेंच बंधन ना अशेंय लोक म्हणटात. तें सत्याक खबर आशिल्लें. पूण सत्याक तातूंत तथ्य दिसनाशिल्लें. तें हाचेविशीं चड विचारूय करिनाशिल्लें. होन्नम्मा लिपोवन हाडून दितालें. सत्याय तें चोरून खातालें.

पूण ही घडणूक वर्गांतल्या ब्राह्मण चलयांनी वचून तागेल्या बापायच्या कानार घाली आनी तो ताका मारूंक आंगार धांवन आयलो. आवय नाशिल्लें चली भुरगें हाची याद जावन अप्पान वयर उबारिल्लो हात सकयल काडलो आनी ताका रागान म्हणलें, 'बाय, तूं म्हजी मान-मर्याद काडून उडोवपाखातीर जल्माक आयलां?' दुसऱ्या दिसा होन्नम्मान दिल्ल्या खाणाक ताणें हात लायलोना. होन्नम्माक अपमानीत केल्लेवरी दिसलें आनी होन्नम्मान सत्याकडेन आपली इश्टागत तोडली. ह्या एक कारणाक लागून तागेली इतल्या दिसांची इश्टागत तुटली.

फकत विचारीक पांवड्यार न्याय मानून घेवपांत अर्थ ना, तेप्रमाण वागप गरजेचें हाची जाणविकाय ताका कॉलेजींत वतकीच जाली.

गांवांत वांगडा हायस्कुलांत शिकतना श्रीनिवासाचें नांव तिरुमलेशगौडा अशेंच आशिल्लें. गांवांतलीं जाल्ल्यान तीं एकमेकांकडेन खबरो मारतालीं. केन्नाय तो सत्याच्या घरा येवन अप्पाकडेनूय खबरो मारतालो. गांवांत दोगांयची वळख आशिल्ली. पूण म्हैसूरांत वतकूच तांची इश्टागत आनीक घट जाली. इंटरमिजियट शिकपाक सत्या महाराणी कॉलेजींत गेल्लें आनी तांच्याच

चलयांच्या हॉस्टेलांत रावतालें. तोवूय युवराजा कॉलेजींत दाखल जावन चल्यांच्या हॉस्टेलांत रावतालो. दोगांय सप्तकांतल्यान दोन-तीन फावटी एकमेकांक मेळटालीं. गांव, हवामान-उदक, गांवांतल्या पिकाविशीं, दोगांयचे वळखीची एकाद्री गांवांतली व्यक्ती मेल्यार, गांवांतल्या लग्नां-मुजींच्यो गजाली, असल्या कितल्या तरी विशयांचेर तांच्यो खबरो जाताल्यो. एक दीस तो गांवात गेल्लो. शियाचे दीस आशिल्ले. येतना ताणें वालांच्यो तीख नेवऱ्यो हाडिल्ल्यो. त्याच दिसा सांजवेळा तो सत्याक मेळ्ळो आनी गांवच्यो गजाली सांगत म्हणपाक लागलो, ह्या वर्सा वालाचें कितलें पीक आयलां म्हूण सांगू. एकएका रोपल्याक इतले वाल लागल्यात, ती वालूच आडवी पडपाची पाळी आयल्या. सोदपाची आनी गरजूच भासना. दोळे धांपून हात घालो जाल्यार हाताक कितल्योतरी सांगो लागतल्यो. सांगोय इतल्यो व्हडल्यो आसात, तीन सांगो सोल्ल्यो जाल्यार खूब दाणे मेळटात. एकेका घोसाक पंदरातरी सांगो मेळटल्यो.

'सामकें तोंडाक उदक सुटपासारकें सांगता. फकत सांगता काय म्हजेखातीर हाडल्यात?'

'हांवें हाडल्योय जाल्यार तूं कितें हांगा रांदतलें? वालाच्यो तीख नेवऱ्यो हांवें करूनच हाडल्यात. इतल्यो बऱ्यो जाल्यात! तूं खातलें?'

'व्हॅरी गूड.'

'व्हॅरी गूड म्हणटा, पूण वक्कलिगांच्या घरांत शिजयिल्ल्यो नेवऱ्यो तूं खातलें? तूं तर पुरोयताची चली.'

सत्याक होन्नम्माची याद आयली. सत्यान तें तिरुमलेशगौडाक सांगलें. ताणें म्हणलें, 'हांव ताका वळखतां. मंचेगौडाची चली न्ही? कोडिहळ्ळींत लग्न करून दिलां ताका. आतां दोगां भुरग्यांची आवय जाला तें. ताणें जशें तुजेकडेन उलोवपाचें बंद केलें, तशेंच हांव करतलों. सांग खातलें काय ना?'

'हे ल्हान गजालीक लागून तूंय इश्टागत सोडटा जाल्यार सोड.' सत्यान तोंड बारीक करून म्हणलें.

आपणे ताका दुखयलें अशें दिसून ताणें म्हणलें, 'तूं खा नाजाल्यार खावंनाका, तुगेली इश्टागत म्हज्यान तोडूंक जावची ना. ह्या गांवात येवन देड वर्स जालें तरीकूय तुचेकडेन खबरो मारतकीच जो आनंद मेळटा. तो हेरांकडेन मारल्यार मेळना.'

मुळावे शाळेंत शिकतना तागेल्या मनांत होन्नम्माची रोटी खाल्यार कितें जाता हो प्रस्न सतावन गेल्लो. तिरुमलेशाच्या घरांतली नेवरी खाल्यार अशी

भावना आतां इतलें शिकतकीच, देड वर्स म्हैसूरांत रावतकीच जावप शक्य नाशिल्ली. तेभायर हॉस्टेलांत वा हॉटेलांत फकत ब्राह्मणूच रांदिनाशिल्ले. आतांमेरेन तागेलें वाचनूय खूब जाल्लें. तें स्वतंत्र विचार करपाक सोदतालें. पूण अशे तरेचें खावपाचो वा तिरुमलेशान अमूक पदार्थ खा म्हूण आग्रो करपाचो प्रसंग ते घटकेमेरेन येवंक नाशिल्लो. ताणें म्हणलें, 'वच. तुगेल्या हॉस्टेलांत वचून घेवन यो बेगीन. हांव खातां.'

'तूं खावं नाका. हे येदेशे गजालीवयल्यान हांव तुजेकडेन उलोवप सोडचों ना.' अशें तिरुमलेशान म्हणलें.

'हे इतले ल्हान गजालीक लागून इश्टागत सोडप म्हणल्यार मूर्खपणाचें लक्षण. ते खातीर म्हणटा हांव. खालें जाल्यार खऱ्यांनीच कायंच जायना. वच पयलीं घेवन यो.'

दोगांय चलत तागेल्या हॉस्टेलामेरेन गेलीं. तें भायरूच रावलें. तो आपल्या रुमांत गेलो आनी खाणाची पोती घेवन भायर आयलो. दोगांय पासयेक कुक्करहळ्ळी तळ्यामेरेन गेलीं. थंयच बसून नेवऱ्यो खाल्यो आनी हात धुवन परतलीं. ते रातीं सत्या जेवलें ना.

दोगांय परिक्षेंत पास जालीं. तें इतिहास विशय घेवन महाराजा कॉलेजींत गेलें. इतिहास, अर्थशास्त्र, राज्यशास्त्र हे विशय घेवन तो तेच कॉलेजींत बी. ए.क वचूंक लागलो. गांवांत आसतना सत्यान बापायकडल्यान ईशावास्य सारकीं कांय ल्हान ल्हान उपनिषदां, भगवद्‌गीता असले ग्रंथ शिकून घेतिल्ले. इंटराक आसतना सत्यान भारतीय संस्कृताय, वेदकाळांतले बायलेचें स्थान ह्या विशयावेलीं इंग्लीश लेखकांनी बरयिल्लीं पुस्तकांय वाचिल्लीं. आतां सत्यान भारत आनी ह्या जगाचो इतिहास खोलायेन अभ्यास करपाक सुरवात केली. वेदकाळांत जातीचें स्वरुप कशें आशिल्लें हें सत्याक पयलींसावन खबर आशिल्लें. जातींमदलो मत्सर आनी विशमता कशी वाडत गेली हाचेविशीं विस्तारान अभ्यास करतना ताका आपल्या गांवांतल्या सामाजिक जिविताची याद येताली. तोच आपल्या अभ्यासाचो विशय आशिल्ल्यान तें परतो परतो त्याच विशयाचो अभ्यास करत रावतालें.

'जातीवादाक लागून देशाचें जाल्लें लुकसाण' ह्या विशयाचेर कॉलेजींत एक वक्तृत्व-सर्त आयोजीत केल्ली. तातूंत श्रीनिवासान उलोवप केल्लें. सत्यानूय केल्लें. सत्याक पयलो क्रमांक फावो जाल्लो. त्या वेळार श्रीनिवासाक सत्याचो दुस्वास जालो ना. आपल्या गांवांतली चली आनी तातूंत आपल्याले बरे इश्टिणीन येदें व्हडलें यश मेळयलें हे उमेदीन श्रीनिवास सत्याक हॉटेलांत घेवन

गेल्लो. थंय श्रीनिवासान दोन गोड आनी दोन तीख पदार्थ खावंक दिल्ले. आनी कॉफीय पिवंक दिल्ली. कॉफी घेतना सत्यान म्हणलें, 'फकत भाशण केलें म्हूण जायना. हो रोग निवळचो, कुडींत पसरचो न्हय अशे तरेचें स्वस्थ जिवित जगूंक जाय.'

'तुगेंले म्हणणें खरें आसा. पूण हातूंत आमी विद्यार्थी जाल्ल्यान कितें करूंक शकतात? हें सगळें म्हालगड्यांच्या ...'

'विद्यार्थी आसून आमी कांय करिनासतना म्हालगड्यानीं करचें अशी अपेक्षा बाळगुवप म्हणल्यार मूर्खपणाचें थारतलें.'

'मूर्खपण हें उतर तुवें जायते फावटी वापरलें हांऽऽऽ. आयज हांव मेजतालों. बारा मिणटांच्या भाशणांत तुवें पंदरा फावटी वापरलें.'

'कोणाक म्हणलें हांवें?'

'आतां तरी तुवें म्हाका उद्देशून म्हणलें काय ना?'

'सॉरी, पूण तुजे भितर जातीयता ना.'

'वालीच्यो नेवऱ्यो तुका खाववयल्यो म्हूण?'

सत्या ओगीच रावलें. तें वेगळ्या विचारांत घुस्पल्लें. त्याच विचारांचे तंद्रेंत ताणें म्हणलें, 'हॉटेलाचेर ब्राह्मण कॉफी क्लब, वीरशैव खानावळ, गंगडीकार मिलीटरी हॉटेल अशेतरेचे बोर्ड लायतात. ताचेर कायद्यान बंदी हाडूंक जाय. जात दाखोवपी बोर्डूच लावंक दिवंक जायना.'

'खरें तुजें.'

कितलोतरी वेळ तीं दोगांय उलयत बशिल्लीं. दोगांयनी बसून एकमेकांक जायत्यो सुचवण्योय केल्यो.

दुसऱ्या दिसा कॉलेजींत मेळटकूच सत्यान म्हणलें, 'सुदारपाची सुरवात सदांच स्वताकडल्यान करपाक जाय. तुवें तुजें नांव कित्याक बदलूंक जायना? तिरुमलेश गौडाबदला फकत तिरुमलेश अशें कित्याक करून घेवचें न्हय?'

सत्याची सुचोवणी ताका मानवली. आपल्या गांवांत आसमेरेन ताका आपल्या नांवाचें कमीपण दिसनाशिल्लें. व्हडलें गिरेस्त घराणें आनी बापूय वकील-मंत्री म्हूण उच्चार करताले तेन्ना ताका कांयच दिसनाशिल्लें. पूण म्हैसूरांत येतकीच मात ताका ही भावना खूब त्रास दिवंक लागली. कॉलेजीच्या पयल्या वर्साक म्हणल्यार ज्युनियर इंटरमिजियटाक आसतना एका चल्यान आपलें अमासेगौडा नांव बदलून अमरेश हे नांव घेतिल्लें. तेखातीर तिरुमलेशाकूय आपणें नांव बदलचें अशें मनांत आयलें.

सत्याकडेनूय ताका ह्या विशयाचेर उलोवचें दिसतालें. पूण तें आपलीं

फकाणां करतलें अशें दिशिल्ल्यान ताणें तो विशय काडलो ना. मागीर तो विचारूय फाटीं पडलो.

आतां सत्यानूच ताका नांव बदलपाची सुचोवणी केल्ली. अमासेगौडाचें अमरेश म्हूण नांव बदल्लें तें आपलें नांव विचित्र आशिल्लें म्हूण. जात सूचक आशिल्लें म्हूण न्हय. ब्राह्मणांतूय खंय सगळींच नांवां आकर्शक आसात? आमच्या गांवांतूय तिप्पय्या, अप्पण्णय्या, गुंडैय्यंगार, कुप्पण्णय्यंगार ह्या नांवाचे ब्राह्मण लोक आसात. तातुंतलें अय्यंगार हें ब्राह्मण जात सूचक नांव काडलें जाल्यार ह्या नांवांत आनी शूद्रांच्या नांवांमदीं कसलो फरक जाणवता? आयकूपाक गोड अशें एकूय नांव आमच्या गांवांत ना काय कितें? हिंदी सिनेमांत, शरच्चंद्राचे बंगाली कादंबरींत कितलीं सुंदर नांवां दवरल्यांत.

आपलें नांव बदलूंकच जाय असो ताणें निश्चेव केलो. पूण दुसरें खंयचें नांव दवरपाचें तें ताणें थारावंक नाशिल्लें. कांय नांवां सुचतालीं सुरेश, रमेश, रजनीकांत, विनोद, दिलीप, किशोर, विद्यासागर, आनंद... कितलींतरी एकापरस एक सुंदर नांवां. निमाणें सत्याकडेनूच उलोवन तातुंतलें एकाद्रें नांव थारावन येवपाचें म्हूण दुसऱ्या दिसा सकाळीं तो ताचेकडेन गेलो. पूण आपणेंच हीं नांवां सुचोवन ताका दाखोवपाक लज कशी दिसपाक लागली. निमाणें खबरांच्या बोवाळांत ताणें सत्याक म्हणलें, 'पयर तुवें म्हणलें तें सामकें खरें. हांवें नांव बदलपाचें थारायलां. तूंच एक नांव सूचय म्हाका.'

'तातुंतलें गौडा काडून उडय. उरिल्लें नांव तशेंच आसूं दी.' सत्यान म्हणलें.

'तेंवूय बदल्लें जाल्यार?'

'तुका जाय जाल्यार बदल. हां, गौडाक मॉर्डन आनी आकर्शक नांवांची आवड आसा दिसता.' अशें म्हूण तें हांसलें.

सत्यान इश्टागतीचे संवकळीन फकाणां केल्लीं. ताका मात ताची लज दिसली. आनी तो मात्सो अस्वस्थ जालो.

'तूंच म्हणटा नांव बदल आनी बदलूंक गेल्यार तूंच म्हजीं फकाणां करता. मात्शें गंभिरतायेन हें प्रकरण हाताळ पळोवया.'

'पळय म्हाका दिसता. देवांचीं नांवां दवरपूय सोडून दिवंक जाय. जणएका देवाच्या नांवांबराबर विंगड विंगड जातींचो संबंध येता. तिरुमल म्हणल्यार वैष्णव, शंकर म्हणल्यार स्मार्त. शिवण्णा म्हणल्यार चडकरून लिंगायत. शिवप्पा लिंगायतूय आसपाक शकता नाजाल्यार वक्कलिगूय आसपाक शकता. शिवस्वामी म्हणल्यार ब्राह्मण. हाचेबदला सैम, सैमांतलीं फुलां, आमच्या जिवितांतली आशा, म्हत्वाकांक्षा हांचीं नांवां दवरल्यार कितलें बरें! कमल

कितलें सुंदर नांव! पूण कमळांतल्यान लक्ष्मीचो जल्म, ती विष्णूची बायल जाली आनी त्या नांवाक वैष्णव पंथाचो शिक्को बसलो. जालें. आनी त्या सुंदर कमळाची सुंदरसाण नाजावन गेली.'

'तुगेल्या नांवातलें 'भामा' काडून उडयलें जाल्यार फकत 'सत्या' कितलें सुंदर नांव.'

'सुचोवणी बरी आसा. पूण येदें व्हडलें नांव पेलपाची म्हाका शक्त आसा काय कोण जाणा!' सत्यान गंभिरतायेन म्हणलें. पूण श्रीनिवासाक सत्याच्या उलोवपाचें मर्म समजलें ना. सत्यान परतें मुखार म्हणलें, 'इंग्लिशींत 'होप' हें उतर कितलें बरें आसा. तसलें नांव जाय. तें आसूं. तूं खंयचें नांव दवरून घेतलो?'

'तूंच सांग.'

'रजनीश, दिनेश... पळय. दिनेश नांव बरें. सूर्य. पूण ताचोच सूर्यनारायण करून वैष्णव पंथात ताचो आस्पाव केला. सुण्याक, अनवाळ्यो ब्राह्मण बायलो पयस दवरतात तशे शिवभक्त ह्या नांवापासून पयस रावतात.'

रजनीश नांव तिरुमलेशाक खूब आवडिल्लें. ते शिवाय तें नांव वैष्णव वा शैव पंथात आसपाचो प्रस्नूच नाशिल्लो. तेखातीर तेंच नांव आपणावचें अशें ताणें थारायलें. मॅजिस्ट्रेटाच्या मुखार सय करून धा रुपया फी भरून, त्या प्रमाणपत्राची कॉपी प्रिन्सिपलसायबाच्या परवानगेन विश्वविद्यालयांत धाडूंक जाय. तांचेकडल्यान मान्यताय मेळटकूच मागीर पेपरांत दिवंक जाय. इतलें ताका खबर आशिल्लें. आनीक कितें करपाक जाय ताचे विशीं चवकशी करपाक जाय. फाल्यांच मॅजिस्ट्रेटाच्या कोर्टांत वतलो म्हूण निश्चेव करून रातचो न्हिदपाखातीर हांतुणार पडलो. तेन्ना अचकीत ताका याद जाली, आपूण पोटांत आसतना गुरवारपणांत आवयक खूब तकालस घेवची पडिल्ली. ते आदीं तीन फावटी तिगेलो गर्भपात जाल्लो. हे फावटीच्या गुरवारपणांत तुमकूरांतल्या व्हडल्या हॉस्पिटलांतल्या बायल स्त्रीरोग तज्ञान भुरगें आनी आवयक धोको आशिल्ल्याचें सांगिल्लें. त्यावेळार आवयन सगळें वेवस्थीत जाग्यार पडल्यार घराण्याच्या देवाक, तिरुमलस्वामीक, ताच्या देवळाचो कळस भांगराचो करतली म्हूण सांगून घेतिल्लें. तेप्रमाण सगळें सारकें जालें. खूब तकालस घेवची पडली पूण दोगांय वाटावलीं. आनी वयल्यान चलो भुरगो जल्माक आयलो म्हूण तिका खूब उमेद जाल्ली. सांगणी केल्ले प्रमाण आवयन देवळाच्या कळसाक भांगराचो फोर मारलो आनी त्याच देवाचें नांवूय ताका दवरलें. तोच कळस आतां मात्शें वता कीर्ण पडलें काय ना, चकचकता.

त्याच देवाचें नांव दवरप ही आमच्या घराण्याची रीत. आजो तिरुमलेगौडा, बापूय मेलगिरीगौडा, म्हजें नांव दवरतनाय तिरुमलेशगौडा इतलोच किरकोळ फरक केलो. ह्या वेळार अप्पा मद्रासच्यान बी.एल. करून आयिल्ल्यान ही मात्शी सुदारणा जाल्ली आसूंक जाय. अशे परिस्थितींत आपलें नांव बदलून रजनीश दवरलें जाल्यार ताका कोणूच मान्यताय दिवचो ना. हें ताच्या लक्षांत आयलें. तेखातीर जें करपाचें तें तांकां विचारूनच करपाचें अशें ताणें थारायलें. तेप्रमाण दुसरे खेपो गांवात गेल्लो तेन्ना ताणें आज्याक विचारलें.

तो हांसलो आनी ताणें म्हणलें, 'बापायन दवरिल्लें नांव नाका म्हणटा. म्हणल्यार आवय-बापूयय नाका असो ताचो अर्थ जालो ना?'

'तशें कशें जातलें आज्या?'

'गौडा म्हणल्यार घराण्याची मान-मर्यादा, गौरव. तेंच नाका म्हणप म्हणल्यारूच आवय-बापूय नाका म्हणलेवरी जालें ना.'

आज्यावांगडा वाद घालपांत कांयच अर्थ ना हें ताका खबर आशिल्लें. मात्शें कठीणूच हें. शारांतलीं मनशां ह्या नांवांक हांसतात आनी गांवातलें नांव अशें म्हणटात, म्हूण नांव बदलतां अशें सांगल्यार बरें जातलें. पूण जात दाखोवन दिवपी नांव आसा म्हूण हांव नांव बदलतां म्हूण सांगलें जाल्यार ते नक्कीच विरोध करतले, ताणें येवजिलें. ताणें सांगतकीच आज्यान म्हणलें, 'तुका गौडा नाका जाल्यार नांवांमुखार राज लाय. तिरुमलेशराज. सुंदर, सुंदर...'

'राज म्हूण कशें दवरपाक जाता? आमी कितें राजा? राजा म्हाराजांचो काळ सोंपलो.'

'राज्य केल्लेंच घराणें आमगेलें.'

आज्याकडेन वाद घालून चडसो कांयच फायदो जावचो ना असो विचार करून तो ओगी रावलो. आवय-बापायक विचारपाक जाय. काळ बदल्ला हें आज्यापरस बापायक चड खबर आसा अशें समजून बेंगळूरांत गेलो. बापूय तेन्ना फकत असेंब्ली मेंबर आशिल्लो. आजूनमेरेन मंत्री जावंक नाशिल्लो. जाल्यारूय एक भाड्याचें घर घेवन बेंगळूरांतूच रावतालो. गौडा हें नांव काडपांत अप्पान विरोध केलो ना. आवयनूय विरोध केलो ना. पूण ज्या देवाचे सांगणेन तो आनी ती मरणांतल्यान भायर आयलीं त्या देवाच्या नांवा जाग्यार रजनीश हें खंयच्यातरी सिनेमा नायका सारकेलें नांव दवरपाक तिणें खर विरोध केलो. अप्पाजीनूय तिका तेंको दिलो. 'तुगेली आवय म्हणटा तें योग्य आसा.' अशें म्हणलें. गौड हें काडून उडोवन फकत तिरुमलेश दवर.

पूण रजनीश परस तिरुमलेश हें नांव ताका अजागळपणाचेंशें दिसलें. तिरुमलेशान ताका न्हयकार दिलो. देवाचें आतां आसा तें नांव कशेंच बदलूंक दिवची ना असो हट आवय धरून बसली. शेवटाक बापायन समजायलें, 'श्रीनिवास हें नांव दवर. देवाचेंय नांव जालें आनी गौडाय गेलें.' हाका मात आवयन हयकार दिलो. आनीक दुसरो उपाय नासून ताणेंय तेंच नांव मान्य करून घेतलें.

म्हैसूरांत येतकूच आपलें नवें नांव सत्याक सांगलें. 'पोन्न्या नांवांपरस हें नांव बरें आसा. तरीकूय वैष्णव पंथाची सुचोवणी करपी नांव आसा.'

कितेंय जावं. एकदाचो 'तिरुमलेश गौडा' मॅजिस्ट्रेटामुखार धा रुपया भरून 'श्रीनिवास' जालो. कॉलेजींतले तागेले इश्ट पोन्न्या नांवांनूच उलो मारताले. कांयजाण 'तिरुमलेश गौडा' म्हणटाले. कांय जाणांनी शिटकायलें 'हॉटेलांत गोड, तीख आनी कॉफी पिवयली जाल्यार आमी त्या नव्या नांवान उलो मारतले.' निरुपायान ताणें कॉलेजीच्या कॅन्टीनांत वचून तांकां पार्टी दिली. कांय म्हयन्यांनी म्हैसूरांत तो श्रीनिवास जालो. गांवांत मात पोन्नें नांव पुसून उडोवप सोंपें नाशिल्लें. गांवांतले ब्राह्मण आपसांत उलोवणीं करताले, टिका करताले, 'नांव बदल्लें म्हूण कावळ्याचो कोगूळ जाता?' पयलींसावन घरांतलीं मनशां मल्लेश म्हूण उलो मारतालीं तें तशेंच आसलें. तें तांणी सोडलें ना.

## 3

आनीक चार दीस हाचेवयल्यान गेले तरीकूय श्रीनिवास तागेल्या रुमार आयलो ना. तें वाट पळयत रावतालें, की तो केन्ना येतलो, केन्नाय येवपाक शकता, एकाद्रो हांव नासतना लेगीत. तेखातीर कॉलेजीचे पिरियड जातकीच तें सरळ रुमार येतालें. फकत नाश्तो आनी जेवपाखातीर हॉटेलांत वतालें. तेशिवाय आनीक खंय वचनाशिल्लें. आपल्या रुमार रावतालें. एक फावटी ताणें मंत्र्याच्या घरा फोन केल्लो. कोणेतरी रिसिव्हर उबारलो आनी उलयलो. हांव मंत्र्याचो पी.ए. म्हूण सांगलें. 'मंत्र्यांची घरकान्न आनी चलो गांवांत गेल्यांत. केन्ना येतलीं तें खबर ना. मंत्री मात खंयतरी गांवाभायर गेल्यात. तुमचें नांव कितें?'

'सत्यभामा' ताणें सहजतायेन सांगलें.

म्हणल्यार श्रीनिवास गांवात वचून स-सात दिसांवयर जाले. आवय थंयच आसा. आतां कसलोच सण वा पुनव काय ना. हाचो अर्थ कितें? सत्याच्या

मनांत प्रस्न उबे रावंक लागले. हें लग्न मोडपाखातीर ताका गांवांत घेवन गेल्यात आसतले. थंय आज्याकडल्यान ताच्या मनांतलो लग्नाचो विचार काडून उडोवपाचो येत्न करतात दिसता. तांचे बगर श्रीनिवासाक समज घालपी, समजूत काडपी कोणूच ना. पूण हो थंय कित्याक गेला? बळजबरेन ताका घेवन वचूंक तो कितें ल्हान भुरगो न्हय. काय ताची भलायकी इबाडल्या? जर ताका बरें दिसना जाल्यार गांवात कित्याक व्हरतले आसले. ताका ते बेंगळूरांत हाडटले आसले. हेर खंयच्याय कारणांक लागून थंय आडखळून उरलो जाल्यार ताणें एकाद्रें पत्र कित्याक बरयलें ना? रुमाचो पत्तो याद नाजाल्यार कॉलेजीच्या पत्त्यार बरोवंक जातालें न्हय?

कॉलेजींत एका थाराविक बोर्डाचेर प्रोफेसराक आयिल्लीं पत्रां लायताले. थंय तर तें सदांच पळोवन येतालें. एकाद्रें विसरून तें पत्र विद्यार्थ्यांच्या बोर्डार मारलें जायत म्हूण तें तोय बोर्ड पळोवन येतालें. सदाच तें ताच्या पत्राची वाट पळयतालें. आतां मात ताच्या मनांतले विचार थतर-वितर जावंक लागले. आनीक दोन दीस जाले. तागेलें तोंडूय दिसना, आनी तागेलें पत्रूय ना. एक पत्र बरोवंक कितें जातालें? एक पत्र बरयलें म्हूण कोण ताका तसो विरोध करचे नात. इतलें ताणें केलां तें पळयत जाल्यार ताचें मन तांणी बदलायलां. आवय, बापूय आनी आज्याचे बळजबरेक बळी पडला. पूण हें सहन करप ताका तितलें सोपें नाशिल्लें. तागेल्या दोळ्यांत दुकां भरिल्लीं. कुडीचें दार बंद आशिल्लें. हिमट्यो गळ्याकडेन भरून आयिल्ल्यो. कितलो आवर घालो तरी घालूंक जालो ना. सुमार दोन मिणटां तें रडलें. पूण कुडीभायर कान दिवन तेळून बशिल्ले पद्मनाभाचार्य आनी फल्गुबायच्या कानांत रडपाचो आवाज येवचो न्हय म्हूण ताणें तोंडात पदर कोंबलो. धा मिणटांनीं ताणें आपल्याकूच थातारलें आनी मनांत म्हणलें, थंय प्रत्यक्ष कितें जालां म्हूण कोण जाणा. नाका जाल्लो विचार करून हांव कित्याक रडलें? आपलो खेळ खेळूंक तांकां सामकें सोपें. ह्या खेळांत म्हगेलो बापूय, भाव, तागेलो आजो, आवय, अप्पा ते सगळे एक जातले. पूण ताणें एकल्यानूच घट रावत जाल्यार पुराय गांव आमचेर उलटल्यार लेगीत कोणूच कांय करूंक शकचो ना.

पूण हाणें एक पत्र लेगीत कित्याक बरयलें ना. ह्या प्रस्नाक मात योग्य जाप मेळ्ळी ना. बुद्दीक पट्टा तशी योग्य जाप मनाक अप्रिय दिसता म्हूण भिरकावन उडोवपाचो ताचो सभाव नाशिल्लो. तो आवय-बापायच्या दडपणाखाला आयला अशें सत्याक दिसलें. चलयेन-चल्यान एकमेकांक पसंद करून लग्न थारायलें जाल्यार अजाप दिसपासारकें कांयच ना. अशें सत्याच्या मनांत

दिसलें. पूण श्रीनिवास तसो करपी? ल्हानपणासावन एकठांय वाडलीं. कॉलेजींत आसतना बराबर शिकलीं, भविष्यकाळाविशीं इतलीं सपनां पळयलीं आनी आतां तो घरच्या लोकांचे बळजबरेक बळी पडटलो? ना. अशें ताच्या मनान समाधान करून घेतलें. पुराय विशय कळ्ळे बगर फकत कल्पना करुनूच दोश लावप अशें करून कांय मेळपाचें ना असो विचार करून ताणें मन थाऱ्यार हाडपाचो येत्न केलो. पूण ताच्या येत्नाक यश मेळनाशिल्लें. मन परतें परतें विचारतालें तो असो कित्याक वागलो? पूण जाप मेळनाशिल्ल्यान तें बेचैन जातालें.

गांवात वचून चवकशी करून कळोवपीय कोणूच नाशिल्लो. बेट्टय्या कडल्यान कसली तरी बातमी मेळटली. पूण आतां असेंब्ली सुरु नाशिल्ल्यान तेय येवचे नात. पूण ह्या वेळार थंय गेलें जाल्यार खूब बोवाळ जातलो हाचो विचार करून सत्यान मनांतलो तो विचार काडून उडयलो. तेपरस हांगासर मेलगिरीगौडाच्या बंगल्याचेर वचून आयल्यार कशें? नाजाल्यार फोन करूं? - अशें दिसलें. पूण म्हाका आयिल्लो विचार ताकाय थंय आयला आसतलोच. आसुंकूच जाय. तोच थंयच्यान येना जाल्यार हांवें कित्याक शांततायेन रावचें न्हय? हो विचार अकस्मात ताच्या मनांत आयलो. हो ताचो विचार फकत एका दिसाखातीर उरलो. दुसऱ्या दिसा सकाळीं कॉलेजींत वतना एका हॉटेलांत वचून, थंयच्यान मेलगिरीगौडाच्या बंगल्यार फोन लायलो. 'हॅलो' म्हणपाची पद्धत आनी आवाजावयल्यान रंगम्मा फोनाचेर आसा हें सत्याच्या लक्षांत आयलें. तिका कशें विचारपाचें म्हूण ताच्या मनांत दुबाव, संकोच आनी भंय दिसलो.

रंगम्मान विचारलें, 'कोण उलयता?'

'श्रीनिवासाकडेन काम आसलें.'

'तुमी कोण?'

'सत्यभामा.'

'आ हा हा. सायबिणी, तो बेंगळूरांत ना. तुजें अशें तूं राव. तिरुमलापूरांत तुजी सामकी आब्रू गेल्या. तो चलो भुरगो. तागेलें कांयच वायट जावचें ना. तुवें अशीं कित्याक त्रासांत उडयलीं आमकां?'

फोनाचेर अशीं उलोवणीं जातलीं हाची ताका जाणविकाय नाशिल्ली. रंगम्मा फोन उखलतली हें लेगीत येवजूंक नाशिल्लें. तिका रोखडीच कितें जाप दितलें हें ताका येवजलें ना. शिवाय तें हॉटेलाच्या गल्ल्यावयल्यान उलयतालें. हॉटेलाचो मनीस मुखारूच बशिल्लो. बील दिवंक उबे राविल्ल्या तिगांय

गिरायकांचे कान ताच्याच उलोवण्याकडेन आशिल्ले. एक बायल हॉटेलांतल्यान फोन करता म्हणटकूच लोकांची नदर ताचेर पडटा आनी आयकुपाची उत्सुकताय चाळवता हें खबर आशिल्ल्यान तें कांयच फोनाचेर उलयलें ना.

रंगम्माच उलयताली '... घोड्याच्या तबेल्यांत घोड्यान रावंक जाय. गाडवावांगडा गाडवान रावंक जाय. आपले जातीचो अपमान करून दुसरे जातीचें उश्टें खावंक येता कित्याक सायबिणी?'

सत्यान रोखडोच रिसिव्हर काडून दवरलो. चार आणे दवरून कॉलेजींत वचपाक भायर सरलें. तें गांवांतूच ल्हानाचें व्हड जाल्ल्यान तिगेल्या ह्या उलोवपांत ताका व्हडली नविदाद कशी दिसली ना. पूण आयजवेर ताका अशें कोणेच कांयच म्हणूंक नाशिल्लें. ह्या अपमानान ताचें मन खतखतालें. हे मनस्थितींत वर्गांत गेलें जाल्यारूय वेवस्थीत शिकोवंक जावचें ना अशें ताका दिसलें. तशेंच कॉलेजींत वचून स्टाफरुमांत बसलें. तें कदेलाचेर बसपाकूच शिपायान एक पत्र हाडून सत्याच्या हातांत दिलें. लखाटो, ताचेर श्रीनिवासाच्या हस्ताक्षरांत बरयिल्लें आपलें नांव पळयतकूच तातूंत कितें बरयिल्लें आसतलें हें तागेल्या अंतर्मनान पयलींच सांगिल्लें. तरीकूय ताणें पत्र फोडून वाचलें. पत्र म्हैसूरच्यान धाडलां म्हूण बरयिल्लें. पत्तोय बरयिल्लो.

'सत्या,

हांव अनपेक्षित आनी दुख्खी अशा निर्णयामेरेन पावलां. म्हजेभशेन तुकाय दुख्ख जातलें हाचें स्पश्टीकरण करून सांगपाची गरज ना. पूण आमी दोगांय जाणांनी हें सोंसून घेवंक जाय. सोंसपाची शक्त म्हजेपरस तुका चड आसा. हें हांव जाणां.

आतांय म्हजो धर्म-वर्ण हाचेर विस्वास ना. पूण हातुंतलें अंतर कमी करपाचो काळ अजुनूय आयिल्लो ना. फकत एकामेकांच्या सुखाखातीर लग्न करप आसना. सगळ्याजाणांनीं ताका मान्यताय दिवंक जाय. आनीक दोन-तीन पिळग्यो जावन वतकूच, समाजांतली श्रद्धा आनी मन विशाल जातकूच वर्णवेवस्था पयसावंक युवक-युवतींक शक्य जातलें काय कोण जाणा. आमी आतांच हें काम करपाक भायर सरलीं जाल्यार अनर्थ जातलो. म्हजी आवय गोळ लावन आत्महत्या करतली आनी तुगेलो बापूय हाय खावन मरून वतलो. अशें कितेंय घडलें जाल्यार आमी केन्नाच सुखी जावचीं नात.

ह्या आमच्या जाणटेल्यानीं जें सांगलां तेंच सांगतां अशें तूं समजून घेवंनाका. गांवांत देवळांत गेल्लों. तुगेलो बापूय मंगळारत करतालो. देवामुखार

उबो रावन विचार करतना म्हज्या अंतरात्म्यान अचकीत हो कौल दिलो, तो लिपोवन दवरपाक म्हाका शक्य जालें ना.

गांवांत रावंकूय म्हज्यान जालें ना. बेंगळूरांतूय रावप शक्य ना. तेखांतीर नापास जाल्ले बी.एल्‌ चे परिक्षेक बसतलों हें निमित्त्य सांगून हांव म्हैसूरांत रावंक आयलां. ह्या गांवांतल्या खंयच्याय रस्त्यावयल्यान भोंवलों जाल्यार तुजीच याद येता. तुज्या स्वासाचो स्पर्श जावंक नाशिल्लो वारो ह्या गांवांत आसपच शक्य ना. हे मुखावयलें जिवित म्हणल्यार फकत तुज्यो यादी. दुसरी खंयचीय बायल म्हज्या जिवितांत हाचे उपरांत येवप शक्यूच ना. तूं म्हाका विसरून वच. तुका देवाचो सोपूत आसा.

गांवांकडेन तुगेलो बापूय अशक्त जाला. वेंकटेश मात भलायकेन बरो आसा.

तुगेलो अभागी

- श्रीनिवास'

पत्र वाचून सोंपलें. सत्याची तकली सून्न जाली. हें पत्र ताणें बरयलां आसतलें काय कोणे ताचेकडल्यान बळजबरेन बरोवन घेतलां आसतलें? श्रीनिवास असो बरोवंक शकता ही कल्पना लेगीत करप ताका खूब कुस्तार जावंक लागलें. अकस्मात ताका रडपाक येवंक लागलें. आपूण स्टाफ रुमांत बसलां हाची ताका जाणविकाय जाली. तरिकूय आपल्याक सावरूंक ताच्यान जालें ना. हातांत हुमकळायिल्ली पर्स तशीच आसली. श्रीनिवासाचें पत्र तशेंच हातांत घेवन तें भायर आयलें. सगळ्या वर्गांनीं प्राध्यापक शिकोवंक गेल्ल्यान वारांदार विद्यार्थी नाशिल्ले. नीट गेट हुपून तें रस्त्यार आयलें. खंय वचपाचें, कितें करपाचें हें ताका सुचना जालें. एका झाडापोंदा उबें रावन सत्यान आपले दोळे पुसले. दुख्खाचो उमाळो सहन जायना जावन तें उब्यानींच व्हडान आवाज काडून रडूंक लागलें. रस्त्यावयल्यान वचपी चार जाण उत्सुकतायेन ताचेकडेन पळोवंक लागले. तें कळटकूच तें थंयच्यान चलूंक लागलें. धा मिणटां गेलीं आसतलीं. आतां हिमट्यो थाऱ्यार आयिल्ल्यो. चेहरो पुसून सत्यान भोंवतणीं पळयलें. आतां खंय वचपाचें? रुमाचेर काय परत कॉलेजींत? कॉलेजींत वचप समा न्हय. परतें रडूंक येवपाक शकता आनी तें येतलेंच. वर्गांत वचून भुरग्यांमुखार रडत उबें रावचें न्हय असो ताणें विचार केलो. रूमार वचपाकूय जायना जालें.

अकस्मात सत्याच्या मनांत एक विचार आयलो. हातांतलें पत्र ताणें परतें उक्तें करून पळयलें. श्रीनिवासान आपल्या रूमाचो पत्तो बरयिल्लो. तो पत्तोय ताच्या परिचयाचोच आसलो आनी तें थंय पाविल्लेंय. नीट म्हैसूरांत वचून श्रीनिवासाक मेळचेंशें ताका दिसलें. मनांत विचार येतकूच सत्यान रस्त्यावयल्यान वचपी रिक्षा थांबयली आनी कलासिपाळ्यच्या बस स्टँडाचेर आयलें. हांगाच्यान म्हैसूरांत वचपी जायत्यो बसी वतात. नाजाल्यार धा-पंदरा मिणटांच्या अंतरान टॅक्सीय वतात हें ताका खबर आशिल्लें. स्टँडार येतकीच पांच मिणटां भितर ताका एक टॅक्सी मेळ्ळी. दोग बायलो, दोग दादले आनी एक ल्हान भुरगें हांकां घेवन टॅक्सी म्हैसूरचे दिकेन धावंक लागली. म्हैसूरांत पावतकूच नीट श्रीनिवासाच्या रूमार वचून हें कसलें पिशेंपण म्हूण ताच्या कानार घालूंक जाय. टॅक्सीचो वेग कमी जाल्लेवरी ताका दिसलो.

सत्यान पर्स उक्ती करून पर्सींतलें ताणें बरयिल्लें पत्र भायर काडलें. आनी आपले बराबर आशिल्ल्यांक दिसचें न्हय अशे तरेन धरून सत्यान तें पत्र परतें वाचलें. नवे विचार आपणावपाची उमेद आसली तरी पोन्ने विचार सोडपाक शक्य जायना अशें दुबळेंपण ताचेभितर आसा अशें ताका दिसून येतालें. 'लग्न म्हणल्यार फकत परस्परांच्या सुखाखातीर केल्ली वेवस्था न्हय. ताका सगळ्यांनी मान्यताय दिवंक जाय.' फाटलीं कितलींशींच वर्सां जाणटेल्यानी जें सांगिल्लें तेंच हो म्हाका पत्रांत बरयता. 'आनीक दोन-तीन पिळग्यो वतकूच समाजांतली श्रद्धा आनी मन विशाल जातकूच वर्णवेवस्था हुपूंक युवक-युवतींक शक्य जातलें काय कोण जाणा. आमी जर हें काम आतांच करपाक भायर सरलीं जाल्यार अनर्थ जातलो. म्हजी आवय गोळ घेवन जीव दितली. तुगेलो बापूय हाय खावन मरून वतलो.' जांकां मुखार वचून कांय करप शक्य ना असल्या दुबळ्या मनशांनीं सांगिल्लो हो शांतीचो उपदेश. 'पयलींच्या जाणटेल्यानीं जें सांगलां तेंच हो सांगता असो समज तूं करून घेवंनाका. गांवांत देवळांत गेल्लों. तुगेलो बापूय मंगळारत करतलो. देवामुखार उबो रावन विचार करतना अकस्मात म्हज्या अंतरात्म्यान हो कौल दिलो-' हो देवळांत कित्याक गेल्लो? आपल्या कुळदेवाक मंगळारत करपाक गेल्लो दिसता. म्हजो बापूय देवाचे मूर्तीमुखार उबो रावन मंगळारत करतालो. थंयच उबो राविल्लो आसतना, त्याचवेळार ताका दिसलें आसतलें - हांव शूद्र. हे नीट गर्भकुडींत वचून उबे रावपी ब्राह्मण. हांव हे ब्राह्मणाचे चलयेक बायल म्हूण कसो स्विकारूं. सकयल्या लोकांनीं वयल्या लोकांक कितेंय ओंपप योग्य आसा. पूण तांचेकडल्यान कितेंय घेवप योग्य न्हय. तांचेकडल्यान फकत आशिर्वादूच

घेवपाचो. ताचें शूद्रत्व गेलें ना हें खरें. इंग्लीश शिकला. म्हजेकडेन इतलो वाद घालता. चर्चा करता. नांवूय बदलून घेतलां. बदलून घेतल्यार लेगीत खंयचें दवरलां? त्याच घरच्या कूळ देवाचें नांव. हाच्या आंगांत धिटाय तरी खंयच्यान भरपाची? तूं शूद्र न्हय. जे परंपरेचेर तूं विस्वास दवरता ते उंचायेचेर तिगून रावपाचो वा फोंडात पडपाचें हें तुजे श्रद्धेचेर अवलंबून आसा हें ताका सांगूंक जाय. तुजें हें दुबळेपण पळोवन म्हाका लज दिसता, अशेंय ताका कळीत करूंक जाय.' असो विचार करतां करतां ताका मनांतल्या मनांत राग आयलो.

आता ताच्या चेहऱ्यावयले भाव मात्शे बदल्ले. रडिल्ल्यान दोळे मात्शे तांबडे जाल्ले. त्या तांबडेपणांत आता रागूय भरसल्लो. चेहऱ्याचेर गंभिरताय जाणवताली. निर्शेवणी आनी मृदुता नाजावन त्या जाग्यार जैत आनी पराभावान विचलीत  जायनात अशे सैनिकाच्या चेहऱ्यावयले भाव दिसताले.

इतल्यान मद्दूर गांव आयलो. एका हॉटिलाकडेन ड्रायव्हरान टॅक्सी उबी करून म्हणलें, 'कॉफी पिवन घेयात जाय जाल्यार. धा मिणटां गाडी रावतली. इंजिनूय मात्शें थंड जावंक जाय.' - अशें म्हणून तो सकयल देंवलो. हेर प्रवासीय देंवले. तें मात तशेंच बसून रावलें. आवय गोळ लावन आत्महत्या करतली ह्या भंयान फाटीं सरपी हो श्रीनिवास खंयचीय गजाल धिटायेन करप शक्यूच ना. रजनीश नांव दवरपावेळारूय आवयन खूब विरोध केल्लो. आंगवण करून जेन्ना तो जल्मल्लो त्या देवाचेंच नांव आसपाक जाय. तेन्नाय ताणें आवयचेंच आयकलें. मातृभक्तीची परंपरा नश्ट केलेबगर पयलींची रूढीगत परंपरा पुरायपणान काडून उडोवंक जावची ना. वा चलयांक योग्य शिक्षण दिवन फुडले पिळगेच्या आवयांचे विचारूच बदलूंक जाय असो तें विचार करीत आशिल्लें. सगळे प्रवासी परते टॅक्सींत बसले. ड्रायव्हर येवन परती टॅक्सी चलोवंक लागलो. टॅक्सींत दोगांय बायलो आसूनलेगीत सत्याकडेन उलयल्यो नात. तांणी आपलेकडेन उलोवचें अशें सत्याकूय दिसनासलें.

हांव आतां म्हैसूरांत वचून कितें करतलें? - असो प्रस्न ताच्या मनांत आयलो. श्रीनिवासाक तापयल्यार जाता. ताचेर रागार जाल्यार जाता 'इतले दीस म्हजेवांगडा उमेदीन भोंवलो आनी आतां म्हाका अशें अर्देवाटेर सोडप खंयच्या धर्मात बसता.' अशें विचारपाक जाता. ह्या लग्नाचो विचार ताणेंच पयलीं केल्लो. पूण ती भावना कोणाल्या मनांत जल्माक आयली हें सांगप मात शक्य ना. ल्हानपणासावन एकठांय वाडिल्ल्या चले-चलयांच्या मोगाची शीम आनी विकास बिंदू वळखुवप शक्य जायना. पूण हे भावनेक स्पश्ट रूप मात ताणेंच दिल्लें. ताणेंच एकफावटी म्हणिल्लें, 'सत्या, तूं ब्राह्मण आनी हांव गौडा

जातींत जल्माक येवचे परस एकेच जातींत जल्मल्लीं जाल्यार कितलें बरें जातलें आशिल्लें.' हाचेर हांव कांयच उलयलें ना. तोय मागीर मुरवतीन मुखार कायंच उलयलो ना. ताचे उपरांत चार दीस म्हजे नदरेक नदर दिनासतना भोंवतालो. उपरांत परतो तोच येवन उलोवंक लागलो. मागीर एकदीस ताणें म्हणलें, 'त्या दिसा हांव उलयलों ताचो तुका राग आयलो?' ताचेरूय कांयच उलयनासतना हांवें विशय बदल्लो. आनीक एक दीस परतें ताणेंच म्हणलें, 'सत्या, तूं ब्राह्मण आनी हांव शूद्र म्हूण जल्माक आयलीं जाल्यार किदें जालें? आमी दोगांय काय हाचेर विस्वास दवरनात.' ताणें वाक्य अर्द्यारूच बंद केलें. आनी तागेलो चेहरो लजेन आनी अर्थ चुकिल्ल्याचे भावनेन सामको तांबडो जाल्लो.

म्हाका इतलें पयस हाडलें. म्हज्या बापायक आनी भावाक सगळें कळोवपाक लावन, सगळ्या गांवभर बातमी फाफसतकूच आतां हो आपले जापसालदारकेपासून पयस वचूंक सोदता. गोळ लावन घेतली हाचेबगर आवयकडेन दुसरो खंयचो उपाय आसतलो? ताका भिवन वेदांतिक मनोवृत्तीच्या ह्या श्रीनिवासाक हांव कितें सांगतलें? श्रीनिवास, तुज्या उलोवण्याचेर विस्वास दवरून हांवें लग्नाक हयकार दिलो. तुजीच धिटाय घेवन हांवें म्हज्या बापायक सांगलें. आतां तुवें म्हजो सांगात सोडलो जाल्यार म्हजी कितें गत? हे विचारासरशीं ताका कच्च जालें. असो सांगात सोडून वचप धर्म न्हय. अशें केल्ल्यान सत्याचो आत्मसन्मान दुखावलो.

पूण बावन सकयल झडून पडटल्या ह्या श्रीनिवासाक हांव कशें आनी कितले दीस आदार दिवंक शकतलें? बळजबरेन हांवें सत्याकडेन लग्न केलें अशी भावना श्रीनिवासाच्या मनांत येवंक जायना. म्हजो पूर्ण विस्वास आसा की जात-पात फट. ही जातिवेवस्था आनी वर्णवेवस्था हो आमच्या धर्मांतलो सगळ्यांत हीन प्रकार. हाचेर म्हजो पुराय विस्वास आसा. ताचेकडेनूय हांव खूब फावटीं ह्या विशयाचेर उलयिल्लें. ताचेकडेन उलयतना व्हडा उमेदीन उलयतालें. आतां 'तूं म्हाका सोडूं नाका -' ह्या रडकुऱ्या सुराचेर राग गावपाचो? ताका अपमान कसो दिसलो. वचून ताचेवांगडा कितें उलोवं, कशें उलोवं, ह्या प्रस्नाक मात जाप मेळ्ळीना. सत्या ह्याच विचारांत आसतना श्रीरंगपट्टण फाटीं पडलें. मुखावयलो रस्तो, रस्त्याचे दोनूय कुशीक शेतां, पयस दिसपी म्हैसूराचें अस्पश्ट चित्र, ताचेफाटल्यान निळे फांटभुंयेचेर उबी आशिल्ली चामुंडी टेकडी - सगळें पळयतां पळयतां कांय खीण ताची विचार करपाची शक्त बंद पडली. फाटल्या वर्सा तें आपूण जावन हटान ताचेवांगडा श्रीरंगपट्टणमेरेन चलत आयिल्लें. थंयचे किल्ले पळयतना लेगीत पायांनीच चलत

भोंविल्लें. पांय खूब दुखताले. अशें आसतना लेगीत पांयांनीच परत वचपाक तयार जाल्लें. श्रीनिवासाक काय ताचेभाशेन पुरो जावंक नाशिल्लें. कितलेंय जालें तरी ताची शक्त सत्यापरस चडूच आशिल्ली. तरीकूय ताणें म्हणिल्लें - 'तूं म्हणटा म्हूण तुका चलत घेवन वतां. आनी तुज्या पांयांक सूज आयल्यार हांव शेकपाक हून उदक खंयच्यान हाडूं? आमी रावतात विंगविंगड हॉस्टेलांत' अशें म्हूण फोर्सान बसीन घेवन गेल्लो.

म्हैसूर आयलें. टावन हॉलाच्या फाटले वाटेन टॅक्सी थांबली. तें सकयल देंवलें. श्रीनिवास रावतालो तो रुम थंयच्यान चार फर्लांग अंतराचेर आशिल्लो. धा मिणटांची वाट. दनपारचीं साडेतीन जाल्लीं. आतां ह्या वेळार रूमार आसतलो काय खंय भायर गेल्लो आसतलो? इश्टावांगडा हेडपाक वचपाचे मनस्थितींत तो नासतलो. ताकाय म्हजेइतलेंच दुख्ख जालां आसतलें. इश्टांपासून पयस रावपाखातीर ताणें हॉस्टेलांत रावचे बदला भाड्याचो रूम घेतला. जनेलाचें दार बंद करून एकलोच पडून रावला आसतलो. अशें म्हूण ताणें मुखार पावलां घालीं.

सुमार एक फर्लांग तें चललें. लायन्स डावन बिल्डिंगेचीं दुकानां जावन मुखार पावलें. रूमार वतकूच ताका कितें विचारपाचें होच प्रस्न ताच्या मनांत उप्रासतालो. कितें विचारपाचें? कितें सांगपाचें? कशें रागार जावपाचें? दोळ्यांत दुकां हाडपाचीं? म्हाका भर उदकामदेंकांत व्हरून बुडोंवनाका अशी ताका विनवणी करपाची? ताका कांयच सुचना जालें. आपणें कांयच उलोवप ना. ताकाच उलोवंक लावपाचें. अशें सत्यान येवजिलें. तो म्हणटलो, 'सत्या, तुका एक पत्र बरयिल्लें, पयर पोस्टांत घाल्लें. तुका तें मेळ्ळें ना?' अशें विचारल्यार? ताणें कितें सांगपाचें सगळें सांगून जालां. ताका हांवें आनी कितें विचारपाचें? कितें सांगपाचें? कांय ना. ताणें थारायलें. तें थांबलें. मनांतलो विचार घट केलो. पांच मिणटां आशिल्ले थंयच उबें रावलें. रस्त्यावयले लोक आनी दुकानदारांचें लक्ष ताचेकडेन गेलें. जेन्ना हें ताच्या लक्षांत आयलें, ताका लज कशी दिसली. सत्याक आतां फुडें वा फाटीं चलपाक लागल्यार बरें अशें दिसलें. कितेंतरी विसरल्लेवरी करून तें सट्करून फाटल्यान वळ्ळें आनी चलपाक लागलें. खंय वचपाचो असो विचार करचे पयलींच तें टॅक्सी स्टँडाकडेन आयिल्लें. एक एजंट ताच्या म्हऱ्यांतूच - 'बेंगळूर टॅक्सी -अर्जंट, आठ रुपया, तयार आसा.' अशी आड्डी मारतालो. 'हांवूय येतां सायबा.' - अशें म्हणून तें ताचेवांगडा गेलें. आनी पयल्या क्रमांकाचेर आशिल्ले टॅक्सींत वचून बसलें.

## 4

सांजवेळा सात वरांचेर तें बेंगळूरांत पावलें त्यावेळार जमनीर पडपाइतली तागेल्या आंगातली शक्त ना जावन गेल्ली. सकाळचें खाण घेवन जातकूच मागीर ताणें कांयच खावंक नाशिल्ल्यान पोटांत लाशिल्लेवरी जातालें. पूण ताका जेवपाची इत्साच नाशिल्ली. बळजबरेन हॉटेलांत वचून खावपाक बसल्यार लेगीत खावपाची इत्साच जायनाशिल्ली. मुखावयल्या एका ल्हानश्याच दुकानांतल्यान दोन केळीं विकतीं घेवन तें एके रिक्षांत बसलें.

रुमार येवन हांतुणाचेर पडल्यार लेगीत न्हीद आयली ना. कितेंय खाल्लें जाल्यार न्हीद येता आशिल्ली काय कोण जाणा! पूण ताका न्हीद येवची नाशिल्ली अशें तागेल्या त्याच मनान सांगलें. खंयचेय विचार सारके तकलेंत येनाशि. फाटल्यो यादी, फुडल्यो कल्पना हातुंतलें कांयच मनांत येनाशिल्लें. श्रीनिवासाची मात ताका खूब तिडक मारताली. पूण तिडकून कांयच जावपाचें ना होय विचार ताका फाटोफाट येतालो. पूण हाचेमुखार आपलें कितें जातलें हो प्रस्न तागेल्या मनांत एक फावट लेगीत आयलो ना.

फांतोडेर मात्सो दोळ्याक दोळो लागिल्ल्यावरी जालो. पूण शेजरा आशिल्ल्या लोकांच्या नळा उदकाचो आवाज आनी रस्त्यावयल्या वाहनांचो आवाज स्पश्ट कानार पडटालो. तेच अवस्थेंत कांयवेळ तें थंयच पडून रावलें. तेन्नाच जनेलांतल्यान चिमण्यो चिवचिंव करीत भितर सरल्यो. ताणे सत्याची न्हीद गेली. म्हूण तें उठून न्हावंक गेलें. न्हावपावेळार फाट घांसतना अप्पान मारिल्ल्यान जाल्ल्यो फाटीवयल्यो जखमो बऱ्योच भरून येताल्यो हें ताच्या लक्षांत आयलें. जखमो भरिल्ल्यो आसल्यो तरीय त्यो दुखताल्यो. टॅक्सींत एकमेकांक तेंकून बशिल्ल्यान त्यो दुखतात हेंय ताच्या लक्षांत आयलें. तागेलो हात कितलो पावता तितलें ताणें सांसपून पळयलें. खंयचीय खवळी आयली नाशिल्ली. मात्शें दुखता म्हूण ल्हवूच सगळें आंग तुवाल्यान पुसून तें रूमार आयलें. आतां हॉटेलांत वचून कितेंय खावंक जाय. नाजाल्यार कॉलेजींत वचपाक जावचें ना. आयजूय भुरग्यांक शिकोवंक जावचें ना. पूण रजेचो अर्ज दिवंक जाय. तितलें काम करपी कोणूय शेजारी-पाजारी ना. घर- मालक आनी वयरूच रावपी पद्मनाभाचार्याची घरकान्न फल्गुबायन ताचेकडेन उलोवप साप्प बंद केल्लें. सत्याची सावळी दिश्टी पडली जाल्यार दार धांपून घेतालीं.

हॉटेलांत वचून, दोन इडल्यो खावन वयर कॉफी पिवन बील दितना तागेल्या लक्षांत आयलें. कालच्या दिसा टॅक्सी आनी रिक्षेचेर साडेसतरा रुपया खर्च जाल्ले. आता पर्सींत फकत धा रुपया आशिल्ले. फाटल्या म्हयन्यांत मदींच नोकरेक सुरवात केल्ली म्हूण ह्या म्हयन्यांत एक तारकेर हातांत पगार पडलो ना. आशिल्ले पयशांत घरभाडें दिवन बरिकसाणेन म्हयनो काडपाखातीर तें धडपडटालें. हाचे पयलीं ताच्या मनांत केन्नाच पयशाचो प्रस्न उप्रासलो ना. पयसो लागलो जाल्यार श्रीनिवास दितलो. नाजाल्यारूय रूमार आनीक कितले दीस रावचें पडटलें? ह्या विचारान तें पयशांचे बाबतींत निश्चिंत आसतालें. पूण आतां तो आदारूच उरलो ना. फुडले एक तारखेर पगार मेळसर कशें जातलें आपलें? कॉलेजींतल्या हेर प्रोफेसरांकडेन तागेली व्हडलीशी वळख नाशिल्ली. प्रोफेसरांच्या रुमार गेलें जाल्यार कांय जाण 'गुड मॉर्नींग' म्हणटात. तें परतें तांकां 'गुड मॉर्नींग' म्हणटालें. सव्वीस दादले आनी सात बायलो हांचेभितर कोणाकडेनूच तागेली इश्टागत नाशिल्ली. ताणें तसो येत्नूय केलो ना. कित्याक म्हणल्यार हांगा येतसावन लग्नाचोच प्रस्न ताका पडून गेल्लो. दिसाक एक एक नवी घडणूक घडून तकली दुखताली. अशा वेळार इश्टागत करपाक संद मेळनाशिल्ली. असले मनस्थितींत विद्यार्थ्यांक शिकोवप हेंच एक काम खूब व्हडलें अशें ताका दिसतालें. तें रुमार परतलें तरिकूय ताचो प्रस्न तसोच आशिल्लो. पयशांखातीर कोणांकडेन हात मुखार करपाचो? हेर प्रोफेसरांक विचारप म्हणल्यार कमीपणाचें. तांचेकडेन नाका. गांवांत अप्पांक आनी वेंकटेशाक बरोवपांत कांय अर्थूच उरलो ना. विकपासारकें म्हजेकडेन आनी कितें आसा? चार साडयो आनी चार पोल्कां होल्डॉलांत घेवन तें म्हैसूरांत आयिल्लें. थंयच्यान बेंगळूरांत आयलें. आवयच्या गळ्यांतली सरपळी घाल म्हूण अप्पा सदांच आग्रो करतालो. पूण भांगरा दागिन्यांचो व्हडलोसो सोंस नाशिल्ल्यान सत्यान केन्नाच ती गळ्यांत घाली ना. आतां ती सरपळी आशिल्ली जाल्यार ताचो उपेग जाता आशिल्लो. कानांतली वेड आनी हातातलें घडयाळ सोडलें जाल्यार विकपासारकें आनीक कांय ताचेकडेन नाशिल्लें. हातुंतलें कितेंय विकल्यारूय ताचे चाळीस-पन्नास रुपयांपरस चड मेळचे नात. पूण मागीर हांतांत वो कानांत नासतना कॉलेजींत कशें वचपाचें?

समस्येचेर कांयच उपाय नाशिल्लो. हे पांच रुपये सोंपचे आदीं कितेंतरी करपाक जाय. कानातलीं विकप आनी तातुंतल्या पयशांतल्यान एक फटीचें कानांतलें घेवप इतलेंच आतां ताच्या हातांत आशिल्लें. हेंवूय आयज सांजवेळमेरेन करपाक जाय. अशें येवजीत तें रूमाचेर आयलें. थंय येतकूच

कांयवेळ तें उजवे कुशींत न्हिदलें. उदारें जालें तेन्ना फाटीवयले जखमेंतल्यान कळ आयली.

इकरा वरांचेर एक पिरीयड आशिल्लो. साडेधा वरांचेर तें कॉलेजींत वचून स्टाफ रुमांत बसलें. दोन मिणटानीं शिपाय आयलो. एका कागदाचेर सय करून घेतली आनी ताणें सत्याच्या हातांत एक पाकीट दिलें. आनी तो थंयच्यान गेलो. पाकिटांतलें पत्र वाचून जातकूच तें घामान सामकें भिजलें. प्रिन्सिपॉलान बरयिल्लें - तुमीं कामार रूजू जायतसावन सारकीं लॅक्चरां घेनात, अशें दिसून आयलां. उदाहरण दिवपाचें म्हणल्यार आयज तुमी कॉलेजींत येवन कायंच सांगनासतना परतीं गेलीं. ह्या तुमच्या बेजापसालदारपणाक लागून भुरग्यांचें लुकसाण जावन कॉलेजीचें नांव वायट जाता. ह्या कारणाक लागून तुमचेर कित्याक कारवाय करची न्हय? हाचेविशीं तुमचेकडल्यान स्पश्टीकरण जाय. पत्राचेर आदल्या दिसाची तारीख आनी सांजवेळचीं चार वरां बरयिल्लीं.

कालचो एक दीस सोडलो जाल्यार ताणें एकूय तास चुकोवंक नासलो. कामांत केन्ना आळशीपण दाखयलें ना. काल हांव जे मनस्थितींत आशिल्लें तातूंत तास घेवप कोणाक शक्य आशिल्लें? पूण वचचे पयलीं हांवें तांकां चीट बरोवन दिवंक जाय आशिल्ली. पूण ते मनस्थितींत तेंय म्हाका सुचलें ना. आतां लेगीत कालचे रजेच्या संदर्भांत एक अर्ज दिलो जाल्यार काम जातलें. पूण इतले सादे चुकीखातीर हे असलें पावल उखलतात. हाचो अर्थ असो जालो, एकाद्रें तांकां म्हगलें हांगा रावन काम करप आवडना दिसता. कांयच सुचना जावन तें वण्टीक पळयत रावलें. 'एक्सक्यूज मी' - अशें म्हणत सत्या वांगडा काम करपी एक लॅक्चरर म्हऱ्यांत येवन दुसऱ्या कदेलार  बसलो. ताणें मान वळोवन थंय पळयलें. ते अर्थशास्त्राचे लॅक्चरर मुद्देगौडा. सत्तावीस-अठ्ठावीस वर्सांचे. पुराय कॉलेजींतलो हो एकलोच गैर-ब्राह्मण. आनीक एक-दोन कोणूय आसा जाल्यार ताका खबर नाशिल्लें. ताणें विचारलें, 'प्रिन्सिपॉलाचें पत्र? स्पश्टीकरण मागलां?' दोन-तीन दीस गुडमॉर्नींग ह्या शब्दाबगर तें हाचेपयलीं ताचेकडेन कांयच उलोवंक नाशिल्लें. ताणेंच मुखार म्हणलें, 'तुमकां अशें पत्र धाडूंक जाय अशें काल स्टाफरूमांत उलयताले तें म्हज्या कानार पडिल्लें. म्हूण तुमकां विचारलें. काल तुमकां एक पत्र आयलें तें वाचून तुमी दुखेस्त जावन हांगाच्यान भायर सरलीं. हांवें पळयल्लें तुमकां. तितलें सोडलें जाल्यार तुमी एकूय तास चुकयिल्लो ना. भुरग्यांकूय तुमगेलें शिकोवप खूब आवडटा खंय.'

'मागीर तांणी कित्याक अशी नोटीस दिली?' अशें म्हणत सत्यान हातांतलें पत्र ताच्या हातांत दिलें.

पत्र वाचतकूच ताणें म्हणलें, 'तुमीं गौडा जातींतल्या चल्याकडेन लग्न जावपाचीं आसात म्हूण सगळ्यांचो राग तुमचेर आसा. ह्या विशयाचेर प्रिन्सिपॉल सायबाकडेनूय तुमचो खूब वाद जाल्लो खंय. तुमकां ह्या कॉलेजींतल्यान भायर काडूंक आतां चड वेळ लागचो ना.'

एका पांयांचेर तें उबें राविल्लें तोय पांय मोडिल्लेवरी जालो. सत्यान विचारलें, 'आतां हांव कितें करूं?'

'कालची तारीख घालून, 'म्हाका जिवाक बरें दिसना. घराकडेन वतां. आयच्या दिसा रजा दियात.' अशें पत्र बरोवन धाडून दियात.'

'आयजूय म्हज्यान शिकोवंक जावचें ना.'

'आयजूय रजा मागपी आनीक एक पत्र बरयात.'

ताणें सांगिल्लें तशेंच सत्यान बरयलें. 'मुद्देगौडा, तुमचेकडेन एक-दोन सुख-दुख्खाच्यो गजाली उलोवंक जाय. तुमी म्हज्या रुमार उपकार करून येवशात?'

'दोन मेरेन म्हजे सगळे पिरियड सोंपतात.'

'तुमी येयात. हांव वाट पळयतां तुमची.' इतलें सांगून आपल्या रुमाचो पत्तो दिवन आनी रजेची चिट्टूय ताच्या हातांत दिवन सत्या थंयच्यान भायर सरलें. तागेलें मन रागान खतखतालें. प्रिन्सिपॉलांकडेन झगडपाची ताची मात लेगीत इत्सा नाशिल्ली. तें केन्नाच झगडलेंय ना. जें ताका दिसता तें ताणें स्पश्टीकरण करून सांगिल्लें इतलेंच. ह्याच कारणालागून प्रिन्सिपल हो तोंकाचो निर्णय घेतले हाची सत्याक कल्पना लेगीत नाशिल्ली. हाचेर कसलो उपाय काडचो अशें रस्त्यावयल्यान येवजीत वतना, ताका दनपरां जेवतालें तें हॉटेल दिसलें. कांयच खालेबगर चलपाक जावचें ना हाची सत्याक जाणविकाय जाली. आनी ताणें भितर वचून जेवणाची ऑर्द दिली. एक प्लेट जेवण सांगतना ताची रकम एक रुपय दितकूच आपलेकडेन चारूच रुपये उरतले. तातूंत ही नोकरीय वतली. शे! ती गेल्ल्यांतूच जमा.

रुमार येवन उजवे कुशींत तें न्हिदलें. मनांत श्रीनिवासाच्यो खूब यादी भरून आयल्यो. हाणें अशें कित्याक केलें? हाचो सभाव जाणून घेवपाक हांवूच अपेशी जालें काय? ह्या विचारांत आशिल्लेकडेन ताका दोळो लागलो. ताका जाग आयली तेन्ना रूमाच्या दारार कोणतरी मारतालो. न्हिदतना ताणें एक दार धांपिल्लें आनी एक बेश्टेंच आड केल्लें. सत्याक न्हिदिल्लें पळोवन हुमऱ्याभायर रावन मुद्देगौडा ल्हवूच दारार मारतालो. सत्या उठलें आनी ताका

भितर आपोवन बसपाक कदेल दिलें आनी न्हाणयेंत वचून दोळ्याक उदक मारून परतें बाजयेर येवन बसलें.

मुद्देगौडानूच उलोवंक सुरवात केली, 'तुमी इतलीं कित्याक भियेतात? जाता तितले बेगीन लग्न जावन तुमी सुखी जायात. नोकरी गेली जाल्यार वचूं.'

'तेंच सांगपाखातीर तुमकां हांवें आपयलां-' अशें सांगून ताणें आपलो गांव, थंयचें वातावरण, आपलो बापूय, श्रीनिवासाचे आवय-बापूय, हांच्यो आपल्या लग्ना विशींच्यो प्रतिक्रिया सांगल्यो. ताचेउपरांत ताणें आदले दिसा आयिल्लें पत्रलेगीत ताच्या हातांत दिलें.

तें पत्र वाचतकूच ताचोय चेहरो देंवलो. हेच संदर्भात आनीक तीन-चार प्रस्न विचारतकूच दोन मिणटां विचार करून ताणें म्हणलें, 'तुमकां कॉलेजींतल्यान काडटले हें निश्चित जालां.'

'म्हाकाय ताचो अदमास आसा.' म्हणत सत्यान प्रिन्सिपॉलाकडेन फाटीं जीं उलोवणीं जाल्लीं तीं सागंलीं आनी ताणें म्हणलें, 'प्रिन्सिपॉलांक ही गजाल कशी कळ्ळी?'

'तुमगेल्या घर-मालकाकडेन तुमचें झगडें जाल्लें खंय. तुमी रूम रितो करून दिवंक न्हयकार दिलो खंय! ते कितलेय तुसडेपणान उलयले तरी तांकां जाप दिनासतना विंगड रूम सोदूंक जाय आशिल्लो.' पूण ते अशें कितेंतरी करतले हें म्हाका कशें कळटलें? समज, हाचेपयलीं म्हाका कळिल्लें जाल्यार हांव नमळायेन वागतलें आशिल्लें? ना. हांव खऱ्यांनीच विरोध करतलें आशिल्लें. अप्पा हांव सामकें ल्हान आसतना सावन सांगताले, हो हट खूब वायट आसता म्हूण. 'आवय नाशिल्लें चली म्हूण हांव आता ओगी रावतां. पूण फाल्यां हाचो तुकाच त्रास जातलो.' अशें तांणी कितले तरी फावटी सांगिल्लें. तेदेवेळार म्हाका कांयच कळनाशिल्लें.

मुद्देगौडान म्हणलें : 'जातिवादाचें हें दुयेंस खूब भिरांकूळ आसता. हे एकेच बाबतींत न्हय, पावलां कणकणीं ही जातीची आडखळ जायत रावता. मुखार वचपाकूच कुस्तार जाता.'

'आनीक एक विचारपाचें म्हणल्यार, हे कॉलेजींत गैर-ब्राह्मण आनीक कितले जाण आसात?'

'कोणूच ना. हांव एकलोंच.'

'तुमकां तरी कित्याक घेतल्यात?'

'एकेच जातीच्या लोकांक भरती करून घेतल्यात अशें जावंक जायना म्हूण. स्टाफ रुमाचे भायले बाल्कनींत हांव उबो आशिल्लों तेन्ना म्हज्या कानार

हें पडलें. हांव आयकतालों हें तांकां खबर नाशिल्लें. 'पंचवीस जाणांच्या मंत्रीमंडळांत एकाद्रो ब्राह्मण जसो नांवांपुरतो दवरतात तशें ह्या मुद्देगौडाक आमचे हांगा दवरला. सॅंपल म्हूण.' आयकतकूच म्हाकाय राग आयलो. पूण मागीर तें खरें आसा हेंवूय जाणवलें.'

'तुमी हे कॉलेजींत कित्याक आयले? सरकारी कॉलेजींत वचूंक जातालें.' सत्यान मुद्देगौडाक म्हणलें.

'तें कितें म्हज्या हातांत आसा? हांगा आमगेल्या जातींतल्या सगळ्यांकूच नोकऱ्यो मेळनात. दिवंक पयलीं आसात खंय नोकऱ्यो? पंदरा-वीस वर्सांपयलीं गैर-ब्राह्मणांक नोकरी मेळपाची गॅरंटी आशिल्ली. आतां आमच्या समाजांतूय सुशिक्षितांचो आंकडो वाडला. हांव गरीब घराण्यांतलो. खंयच आमी फावोर लावंक शकनात. तेखातीर सरकारी कॉलेजींत नोकरी मेळपाचो चान्सच ना. हांव अर्थशात्र शिकलां. तेखातीर सांगतां. एकेवटेन नोकरेची गरज आनी दुसरेवटेन रितीं जावपी पदां आनी नव्यान रचणूक केल्लें पद हांचें जशें प्रमाण बदलत वता तशो जातीच्यो समस्याय बदलत वतात. आतां खरें पळोवंक गेल्यार ब्राह्मण-ब्राह्मणेतर हीं झगडीं सोंपल्यात आनी ब्राह्मणेतरांतल्या वेगवेगळ्या गटांनीं झगड्यांची सुरवात जाल्या. आनीक धा-पंदरा वर्सांनीं ह्या झगड्यांचें रूप आनीक बदलतलें. परिस्थिती खऱ्यांनीच बदलतली. पूण एके विशिश्ट परिस्थितींत सुविधांखातीर जे नेम केल्ले तेच आतां विखाच्या रूपांत वाडत रावतले. नवे नवे परिस्थितींत नवे तरेचीं विखांय तयार जायत रावतात. तीं जिवीं रावन वाडत रावतात.' उलयतां उलयतां ताणें बोल्सांतल्या गणेश विडयेचें बंडल भायर काडलें. 'हांव विडी ओडूं?' म्हूण सत्याची परवानगी घेतली आनी तातूंतली एक विडी फुसकायली. एकफावटी धुंवोर सोडत तो मुखार म्हणूंक लागलो, 'तुमकां प्रस्न पडलो आसतलो, हो कॉलेजींतलो प्रोफेसर आसून विडी कित्याक ओडटा? पूण हें विडये पाकीट सवाय पडटा. मेळटा त्या पगारांत घरभाडें दिवन, भायर हॉटेलांत जेवपाचें, गांवांत पयशे धाडपाचे. मागीर सिगारेटीक पयसो खंय उरतलो?'

'हे कॉलेजींत तुमी एकलेच. बेजार येना तुमकां? कोणूय भेदभाव दाखोवन दिनात?'

'आमी अशें धरल्यार अशें, तशें धरल्यार तशें. म्हजेवांगडा सगळे वेवस्थीत वागतात. वेंकटरामय्या नांवाचो गणिताचो प्रोफेसर आसा. तो हेरावांगडा आसता तेन्ना शूद्रांक नांवां दवरता. आनी म्हजेमुखार ब्राह्मणांक गाळी मारता. तुमची सगळी म्हायती ताणेंच म्हाका दिली. वयल्यान प्रिन्सिपॉल

आनी हेर वांगड्यांक अशो गाळी मारल्यो म्हूण सांगूं! तुमी आयज जी चीट म्हजेकडेन दिल्ली ती शिपायाच्या हातांत दिली आनी हांवें सांगलें. 'ही चीट कालूच सत्यभामम्मान इकरा वरांचेर म्हजेकडेन दिल्ली. हांवूच ती दिवंक विसरलों.' हें फट म्हूण कोणाक कळटलें? इतली धिटाय तुमचे जातींतले कोणूय दाखोवंक शकचेनात. कित्याक खबर आसा?'

सत्या ताच्या तोंडाकडेन पळयत रावलें.

ताणेंच मुखार म्हणलें, 'कित्याक म्हणल्यार ते म्हजे आड कांयच ॲक्शन घेवंक शकचेनात. तांणीं कितेंय केलें तरी ब्राह्मण कॉलेजींतल्यान गैर-ब्राह्मण प्रोफेसराक धांवडावपाखातीर हे अशे करतात म्हूण हांव बोवाळ घालतलों हाचो तांकां भंय आसा. ही गजालूय म्हाका वेंकटरामय्यान सांगली. म्हजे जातींतल्या लोकांनी म्हाका नोकरी मेळोवन दिवपाखातीर मजत जरी केली नासली, तरी असलें निमित्त काडून बोवाळ करपाक मात सगळे धांवन येतले. त्यावेळार सरकारूय म्हजे मजतीखातीर येतलें.'

सत्यान विचारलें, 'आतां हांव तांचे नोटिशीक कितें जाप दिवं?'

'हांवें केन्नाच तास सोडलो ना. काल कॉलेजीकूय आयिल्लें. रजेची चीट मुद्देगौडाच्या हातांत दिवन गेल्लें अशें बरयात. आयज न्हय. फाल्यां कॉलेजींत येतलीं तेन्ना बरयात. मन शांत नाजाल्यार फाल्यांच्या दिसाचे सुटयेचेंय बरोवन दियात.' अशें सांगून तो थंयच्यान गेलो.

आयिल्ल्या लोकांक खावंक दिवपाक रूमार कांयच नाशिल्लें. सत्यान ताका म्हणलें, 'हांवूय येतां. आमी कॉफी घेवया.'

'असली उपचारिकता नाका.' - अशें म्हणून तो थंयच्यान गेलो.

आतां तागेलें मन फकत कॉलेजींतले आपले नोकरेचोच विचार करीत आशिल्लें. सकयल वचून घरमालकाक धमकी दिवची इतलो राग सत्याक आयिल्लो. ताणें स्वताक सावरलें. आपलेकडेन आतां फकत चार रुपये उरल्यात. एक तारखेर रूमाचें भाडें दिवंक जाय. नाजाल्यार रूम रितो करचो पडटलो. म्हणल्यार तांचो हेत साध्य जाल्लेवरी जातलो. आता हो फकत हार जैताचो प्रस्न उरूंक नाशिल्लो. तांचेकडेन चडाओड करपाक हांव हांगा येवंक ना, पूण आतां नोकरीचें कशें जातलें? म्हजें जिवीत कशें चलतलें? गांवाकडेन वळून पळोवपाचो प्रस्नूच ना. श्रीनिवास तर आपलेवयली जापसालदारकी काडून मेकळो जालो. ताचेखातीर घरमालकाकडेन झगडें जालें आनी नोकरी गेली. प्रिन्सिपॉलान फाटीं एक दीस आपल्याक आपयिल्लें तें केशवय्यंगाराचे सांगणेनच हें ताका आतां समजलें.

सत्या दुसऱ्या दिसा णव वरांचेर कॉलेजींत गेलें आनी रजेची चीट दिवन आयलें. चार रुपयातलें एक रुपयांचें जेवण दनपारचें जालें. आनी रातीकडेन ताणें एक प्लेट इडली खाली. आता पावणे तीन रुपया उरिल्ले. दुसऱ्या दिसा न्हावन कपडे बदलून ताणें वर्गांत वचपाची तयारी केली. रस्त्यावयल्या हॉटेलांतल्यान दोन इडल्यो खावन कॉलेजींत गेलें. स्टाफरुमांत कोणूच येवंक नाशिल्लो. पूण तें येवन पांच मिणटां जावचे पयलींच शिपाय थंय पाविल्लो. आनी ताणें सांगलें - 'प्रिन्सिपॉल सायब आपयतात.'

आपूण शांततायेन उलयतलें ह्या बेतान तें उठलें.

प्रिन्सिपॉल काय रागार असो दिसनासलो. ताणेंच विशय काडलो, 'तुजें लग्न मोडलें खंय. खरें तें?'

ह्या प्रस्नाची ताका मात लेगीत अपेक्षा नाशिल्ली. ताणें तरीकूय मोन्यांनी म्हणलें, 'हय.'

'चल्याचो बापूय मंत्री आनी तांणी सगळ्यानीं चल्याचेर चेंपण हाडलें खंय.'

'आतां तशें दिसता खरें. पूण तितलेंच कारण आसा वो आनी कसलें हें तूर्ताक तरी म्हाका कांयच खबर ना.'

'तुमकां खबर नासतलें. पूण हांव सांगता. सदांच अशेंच घडत आसता. वयले जातींतले चलयेक बाटोवंक सकयले जातींतले सगळेच तयार आसतात. आवय-बापायनूच पयलीं ताका तेंको दिला आसतलो आनी लग्नाचो विशय येतकूच न्हयकार दिला आसतलो.'

हें आयकून मात ताका खूब तिडक मारली. तरी ताणें स्वताक सावरलें. पूण आपणे कांयच जाप दिलीना जाल्यार तांचो आरोप मान्य केल्लेवरी जातलो हाची जाणविकाय जातकूच ताणें जाप दिली, 'तुमी म्हजेपरस व्हड आसात. तुमी अशें म्हणटात जाल्यार हांव कितें उलोवं?'

'हांवें कितें म्हणलें?'

'वयल्या जातींतल्या चलयांक बाटोवंक म्हणिल्लें तुमी. हाचो अर्थ हांव बाटलें असो जालो?'

प्रिन्सिपॉल मात्सो कांचवेलो. ताणें अशा एकेका शब्दाक आपल्याक धरप हीं ताचीं सुबेजपणा अशें ताका दिसलें. तरीकूय स्वताक सावरून ताणें म्हणलें, 'म्हाका तशें म्हणपाचें नाशिल्लें, चारचौगांत तांणी तुमच्या नांवांची वाट लायली काय ना? आतां तुगेल्या गांवांत सगळ्यांक आनी हेर लोकांकूय तुमी ताचेकडेन लग्न जावपाचो आग्रो धरिल्लो हें सगळ्यांक खबर आसा. आता ताणेंच तुमकां

पयस केलीं. हातूंत कोणाच्या नांवाची वाट लागली? तुमचीच. 'स्वधर्मे निधनं श्रेयः' हाचो अर्थ होच. आमच्यो नोकऱ्यो गेल्यो. आमचीं प्रमोशनां गेलीं, आमचें पौरोहित्य गेलें. आमगेले बायलमनशेची अब्रूय गेली जाल्यार आतां उरलें कितें?'

सत्या कांयच उलयलें ना. दोन मिणटां तशींच गेलीं. ताचेकडल्यान कांयच जाप आयली ना म्हणटकूच प्रिन्सिपॉलान परतें म्हणलें, 'त्या दिसा हांवें तुमकां आपोवन घेतिल्लें. त्या दिसा तुमी व्हडलें व्याख्यान दिलें! तुमी इतिहास वाचला. आयचे पिळगेंतल्यो आसात. हें कलीयुग हातूंत कांयच दुबाव ना. सकयले जातींतले आमचेपरस वयर सरून आमकां माडयतात हेंवूय फट न्हय. हांवें ताचो अणभव घेतला. आतां तरी जाणट्यांचें सांगणें सारकें आयकून घेयात. बापायकडेन वचून चुकीची माफी माग.'

तागेलें उलोवणें आयकून घेत आपूण ताका सहमत आसा हें दाखोवन दिवपाक सत्या आतां तयार नाशिल्लें. तशेंच मनावयलो ताबोय वचूंक दिवपाक जायना. हाचीय ताका जाणविकाय आशिल्ली. ताणें थंडसाणेन म्हणलें, 'तें चुकलें आसतलें म्हजें. ज्या मनशाचेर विस्वास दवरलो तोच भिजूड जालो. हांवें जें कितें केलें तातूंत म्हजी कांय चूक ना. वर्णवेवस्था आनी ब्राह्मण-शूद्र हो भेद म्हणल्यार अनीत आनी अधर्म, हाचेवयलो म्हजो विस्वास आयजूय तितलोच दृढ आसा.'

प्रिन्सिपॉलाक कोणेतरी पोल्यार थापट मारिल्लेवरी जालें. ताका तें लिपोवप शक्य जालें ना. ताणें सट्करून म्हणलें, 'ऑल रायट. आतां तुमी वचात.'

तागेल्या आवाजावयल्यान सत्याक ताचो अर्थ समजलो. ताणें थंडसाणेन म्हणलें, 'हांव वेवस्थीत तास घेना अशी तुमकां कोणें चुकीची बातमी दिल्या. तुमकां जाय जाल्यार तुमी विद्यार्थ्यांक ताचेविशीं विचारात. दोन दिसांपयलींची गजाल मात खरी आसा. भलायकी बरी नाशिल्ली. रजेचो अर्जूय धाडून दिल्लो. दोन दीस न्हिदुनूच आशिल्लें. रजेचो अर्ज तुमकां मेळ्ळा आसतलोच.'

'ऑल राईट!'

आतां मुखार कांयच उलोवपाचें उरूंक नाशिल्लें. ओग्गी बसपाकूय जायनाशिल्लें. 'बरें. वतां. नमस्कार' - अशें म्हणून तें उठलें.

त्या दिसा तें आपल्या दोनूय वर्गांत वचून आयलें. आनी स्टाफ रुमांत येवन बसलें. मुद्देगौडा आपल्या लेक्चराक गेल्लो. तो येतासर एकलेंच बसून रावंक ताका बेजार येवंक लागलो. रूमांत अध्यापक आनी अध्यापिका आशिल्लीं. तीं आपल्याच कामांत गुल्ल आशिल्लीं. सत्याकडेन कोणूच कांयच

उलय नाशिल्लो. तरीकूय आपलें लग्न मोडिल्ल्याची बातमी सगळ्यांक खबर आसा, हें ताच्या लक्षांत आयिल्लें. ही गजाल प्रिन्सिपॉलाक कोणे सांगली? मुद्देगौडाक हे विशीं विचारपाचें थारायिल्लें. घांट वाजली. दोन मिणटांनीं मुद्देगौडा खोडवाचो धवो हात कोटाक लागचो न्हय म्हूण पयस धरून आयलो. ताका पळयतकूच म्हऱ्यांत येवन ताणें म्हणलें, ‘प्रिन्सिपॉलानीं आपयिल्लें खंय तुमकां.’

‘हय.’

‘तुमचे सगळे तास सोंपले?’

‘हय, तुमचीच वाट पळयतालें.’

‘तुमी तुमगेल्या रूमार वचात. अर्दवरान हांव येतांच. हांगा उलोवपाक नाका -’ इतलेंच सांगून तो हात धुवंक गेलो. तेंय भायर सरलें. हॉटिलांत एक रुपय दिवन जेवन तें आपल्या रुमार परतलें. धा मिणटानीं मुद्देगौडा थंय आयलो. ताचे वांगडा पन्नाशींतलो वेंकटरामय्या आशिल्लो. तकलेच्या मुखावयल्या भागाक टक्कल, लांब नाक, बारीक दोळे, काळो रंग. वेंकटरामय्यांची आनी मुद्देगौडांची बरी इश्टागत आशिल्ली. रूमार येतनाच ताणें म्हणलें, ‘म्हाका कित्याक घेवन आयला म्हूण मुद्देगौडाक विचारनाकात. तुमचो बरो मागपी म्हूण हांव हांगा आयलां. सांगात, प्रिन्सिपॉलाकडेन कसलीं उलोवणीं जालीं?’

जें घडलें तें ताणें सांगलें आनी शेवटाक विचारलें, ‘लग्न मोडिल्ल्याची बातमी हांकां कोणे सांगली?’

रोखडेंच वेंकटरामय्यान सांगलें, ‘पयर तुमच्या रुमांतल्यान येतकीच मुद्देगौडान म्हाका सगळी गजाल सांगली. तुमकां मजत करची अशें म्हाका दिसलें. कमिटींतल्या सगळ्या जाण्टेल्या गिदांक एक ब्राह्मण चली शूद्राकडेन लग्न करून वर्णसंकर करता हाचो हुस्को पडिल्लो. हें लग्न मोडलां म्हूण कळटकूच तांगेलो राग कमी जातलो अशें दिसलें म्हूण हावेंच काल तांकां सांगलें.’

मुद्देगौडान म्हणलें, ‘हांणीं लग्न मोडिल्लें जाल्यार तांकां बरें दिसतलें आशिल्लें. शूद्र चल्यान लग्न मोडलें. तेखातीर तांकां तितलेंशें बरें दिसलें ना.’

‘मागीर तशेंच सांगपाचें, चलयेनूच न्हयकार दिलो म्हूण!’

‘पूण हांकां खंय तें मान्य आसा!’

‘जाय जाल्यार हांव सांगता, चलयेनूच न्हयकार दिलो म्हूण. एका विचित्र खिणांत असो विचार मनांत आयिल्लो. आता मात तांकां ताचो पश्चाताप जाता अशेंय हांव जाल्यार सांगून दितां. हांकां कित्याक त्या जड्डयामुखार हें वचून सांगपाची गरज आशिल्ली की जें हांव मानतां, तोच धर्म म्हूण. असल्या विशयांत डिप्लॉमसी आसल्यार पुरो.’

'आतां कितें करपाक जाता तें सांगात?' मुद्देगौडान विचारलें.

'हें पळय, हांव इतलो सिनियर आशिल्लो म्हाका प्रिन्सिपॉल करपाक कितें जातालें? अध्यक्ष आनी सेक्रेटरी हांचे उपशाखेचो हांव ब्राह्मण न्हय म्हूण म्हाका सोडून तागेल्याच जातींतल्या रिटायर्ड गिदाक हांगा हाडून बसयला. हांव प्रिन्सिपॉल आशिल्लों जाल्यार असले बाबतींत हांव लक्ष घालचो नाशिल्लों. हे गजालीचो कॉलेजीकडेन कांयच संबंद ना. बरेभाशेन शिकयल्यार पुरो. तांगेल्या पर्सनल लायफाविशीं आमकां कित्याक जाय? शट् अप् म्हणटलों आशिल्लों.'

'आतां कितें करपाचें तें पयलीं सांगात.' मुद्देगौडान परतो ताका मुद्याचेर हाडलो.

'हांवेंच हें लग्न नाका म्हणलें. एका वायट खिणांत हो विचार म्हज्या मनांत आयिल्लो. आतां तो खीण हातांतल्यान गेलो. हांवेंय तो विचार सोडला अशें ताणें सांगूंक जाय. प्रिन्सिपॉल आनी हांव स्मार्त पंथाचे. कमिटीचे मेंबर सुब्बराय लेगीत स्मार्तच आसात. ते मुरूकुनाडूचे स्मार्त आसतले आनी हांव बडगनाडुचो स्मार्त. तुमचो पंथ खंयचो?' ताणें सत्याक विचारलें.

'तेंय स्मार्त. आतां कितें करपाचें? सांगात.' मुद्देगौडान परतें वेंकटरामय्यांक विचारलें.

'सुब्बरायांकडेन वचून इतलेंच सांगलें जाल्यार काम जातलें. त्या प्रिन्सिपॉल म्हूण लेबल मारून भोंवतल्या गिदाकूय हेंच सांगपाचें. हें पळय, आतां ह्यो प्रोबेशनाचेर आसात. तांणीं काडून उडयल्यार लेगीत कांयच करपाक जावचें ना. दोन वर्सांनी पर्मनंट ऑर्द हातांत पडटकूच काम जालें. मागीर एकाद्र्या म्हाराकडेन लग्न केल्यार लेगीत कमिटीवयले कांयच करूंक शकचे नात. जातींत कितें आसा? कनकदास खंयचे जातीचे आशिल्ले? आमी तांची कनकजयंती मनयनात, लोकशाय आघाडीचेर येतकीच?'

वेंकटरामय्या आनीक मुखार उलयतलो आशिल्लो. पूण ताका आडावन मुद्देगौडांनी सत्याक विचारलें, 'हे सांगतात ते डिप्लोमसीक तुमची तयारी आसा?'

ताणें विचारचे पयलींच सत्याचें मन ताचेर विचार करपाक लागिल्लें. डिप्लोमसी म्हणल्यार कितें? मुखावयले व्यक्तीक तिका जाय तें सांगून आपलो हेत सादोवन घेवप. आतां आपलो हेत कितें आसा? ह्या प्रस्नाक ताका जाप येवजली ना. पूण हे कॉलेजींत नोकरी तिगोवन दवरप हें तूर्ताक सामकें गरजेचें. तरिकूय हो आपलो मूळ हेत न्हय. ह्या क्षेत्रांत येवन काम करप हेंच जिणेचें

ध्येय अशें हांवें काय थारायलें नाशिल्लें. आतां अचकीत परिस्थिती बदल्ली. नोकरेबगर म्हाका जगप शक्य ना. पूण होच जिविताचो मुखेल उद्देश म्हणपाचो? तेखातीर आपलो विस्वास, श्रद्धा धांपून दवरून फट उलोवचें? सत्याक तें अपमानास्पद दिसलें. चुकीची कबुली दिवप हो काय अपमान न्हय. जी चूक आपूण मानिना ती चूक म्हूण मान्य करून प्रासंगिक सुवार्थ सादप म्हणल्यार मात नीचपणाच. आपणेच आपल्या व्यक्तिमत्वाची हत्या करप अशें जालें ना?

ही नोकरी उरलीना जाल्यार कितें जातलें? ह्या गांवात आनीक खंयचीय नोकरी मेळपाची ना? असलीच मेळची ना हेंय सत्याक खबर आशिल्लें. सत्याक नोकरेची आनी पगाराची सामकी गरज आशिल्ली. हातांत आशिल्ले पयशे आयज रातीं आनी फाल्यां सकाळमेरेन सोंपतले. ताचे उपरांत? ताका मनांतल्यान श्रीनिवासाची तिडक मारली. मनांतल्या मनांत दोन गाळी लेगीत मारल्यो. पूण विवेक बुद्द जागी जाली. आनी दिसून आयलें की नोकरेखातीर प्रिन्सिपलामुखार चूक कबूल करप जितलें कमी दर्जाचें काम दिसतलें तितलेंच श्रीनिवासाक गाळी मारपूय कमी दर्जाचें. ताच्या मनांत आतां फाल्यांसावन नशिबांत आयिल्ली उपासमार आनी एक तारखे उपरांत वांट्याक येवंक सोदता ती बेघर स्थिती. पूण रोखडेंच बुद्धीन सांगलें, हेयपरस कठीण परिस्थितींत मनशाच्या विश्वासाची खरी कसवटणी लागता.

'मागीर? कितें म्हणटा?' वेंकटरामय्यान परतें विचारलें.

'हांव कोणाकूच मेळचें ना. आनी कोणाच्याय मुखार म्हजें चुकलें अशें हांव म्हणचें ना.'

'हें पळय, आनीक एक फावट विचार कर. कपल घट्ट आसा म्हूण वणटीक व्हरून मारचें न्हय.'

'वेंकटरामय्या, सत्या विचार केलेबगर कांयच उलयना. तुमी आतां कांयच उलोवंनाकात.' मुद्देगौडान निर्णय सांगलो.

## 5

त्याच दिसा सांजवेळा सत्या चिक्कपेटेंत गेलें आनी थंयच्या एका शेटीक आपलें कानांतलें विकलें. ताचे सत्याक पन्नास रुपया मेळ्ळे. थंयच्यान दुसऱ्या दुकानांत वचून ताणें पांच रुपयांचीं फटीचीं कानांतलीं घेवन कानांत घालीं. भूक लागिल्ली. वाटेरूच आशिल्ल्या एका हॉटेलांत भितर सरलें. ताणें थंयच्या एका

भुरग्याक 'कितें आसा-' अशें विचारतकूच ताणें व्हडली वळेरीच वाचून दाखयली. सुरवेक 'जिलेबी, म्हैसूरपाक, गुलाबजाम' अशीं सात-आठ गोड जिनसांची नावां घेतलीं. मागीर तीख जिनसांचो पट वाचूंक सुरवात केली.

'एकेक जिलेबी, म्हैसूरपाक, गुलाबजाम आनी जहांगीर दी.' सत्यान ऑर्डर दिली.

भुरग्याक अजाप दिसलें. 'चारूय एकेचफावटी हाडूं?' अशें ताणें विचारलें. ताणें हय म्हूण सांगलें. सत्यान सगळे गोड पदार्थ खाले आनी ताचेर एक दोसा खावन कॉफी पिलें आनी भायर सरलें. सवायदोन रुपया बील जाल्लें. बील दिवन भायर सरतना सत्याक दिसलें, एकेच फावटी इतले जिनस खावपाची म्हाका इत्सा कित्याक जाली? इतल्याच पयशांत मात्सो सांबाळून खर्च केल्यार देड दीस वतलो आशिल्लो. आतां ताचेर चड विचार करून कांयच फायदो ना, अशें म्हणत लागींच आशिल्ल्या बस स्टँडावयल्यान बस धरून तें रूमार गेलें. रोखडीच न्हिदूय लागली.

आपणें जावन कॉलेजीक वचपाचें सोडचें न्हय असो ताणें विचार करून सकाळीं उठ्ठकूच सत्यान आपल्या लॅक्चराची तयारी केली. इकरा वरांचेर भायर सरून वाटेरूच आशिल्ल्या हॉटेलांत जेवन पावणेबारांक तें कॉलेजींत पावलें. बारा वरांचेर तास आशिल्लो. तें स्टाफ रूमांत वचून बसतकूच धा मिणटांनीं शिपाय थंय आयलो. एका कागदाचेर सत्याची सय घेवन ताणें एक लाखाटो ताच्या हातांत दिलो. तातूंत कितें बरयलां हेविशीं ताच्या मनांत कसलोच दुबाव नाशिल्लो. तरीकूय सत्यान लाखाटो फोडलो आनी तातुंतलो कागद काडून वाचलो. सकयल प्रिन्सिपॉलाची सय आशिल्ली. ताणें बरयिल्लें, 'वेळार तास घेनासतना कॉलेज चुकयिल्लेखातीर तुमकां शिटकावणी दिल्ली. कारणूय विचारिल्लें. आजूनमेरेन तुमचेकडल्यान कांयच जाप मेळ्ळीना. आनी रजेचो अर्ज दिनासतना आनीक दोन दीस तुमी कॉलेज चुकयलें. तेखातीर आयजसावन तुमकां नोकरेवयल्यान काडून उडयलां.'

मुद्देगौडान रजेची चीट दिल्या आसतली हेविशीं ताच्या मनांत मात लेगीत दुबाव नाशिल्लो. पूण रजेची चीट दिल्ल्याक कांयच पुरावो आसना. आपल्याक काडून उडोवपाखातीर तांणी इतलें फट उलोवप? तें उठलें आनी नीट रूमार गेलें. आतां फुडलो विचार करूंक जाय. दुसरी नोकरी मेळोवंक जाय. ह्या गांवांत इतल्यो शाळा आसात, बँकेंत वा हेर खंयूय क्लार्काची नोकरी मेळपाक शकता. खंयच्याय वर्तमानपत्रांच्या ऑफिसांत येत्न करपाक कांय हरकत ना. नोकरी मेळोवपाखातीर वळखी जाय. तागेलो ह्या गांवांत कोणूच वळखीचो

नाशिल्लो. फाल्यांसावन वर्तमानपत्रांतल्यो जायराती पळोवंक जाय. हिंदू, टाइम्स ऑफ इंडिया हे सारकेले पेपर पळोवंक जाय. ह्याच गांवांतली नोकरी जाय अशेंय काय ना. मद्रास, मुंबय खंयूय जाता. अशेतरेन विचार करून तें आपल्या मनाक समजावपाचो येत्न करतालें.

सवायतीन वरांचेर मुद्देगौडा आयलो. कदेलाचेर बसतनाच ताणें म्हणलें, 'प्रिन्सिपॉलान ऑर्डर दिली सगळ्यांक खबरूच आसा. कांय जाणांनी आपली तिडक दाखोवन दिली. जाय जाल्यार भुरग्यांक खुबळावन स्ट्रायक करूंक जाता. हांवूय हेखातीर तुमकां भितरल्यान मजत करूंक शकतां. पूण तुमी हें सगळें गंभिरतायेन घेतलीं?'

'इतलो उपद्रव करून, तांचेकडेन झगडें करून हांगाच नोकरी करपाक रावलें, तरिकूय म्हाका थंय मनाची शांती मेळची ना. म्हूण अशें कांयच करपाक नाका.'

'मागीर मुखार कितें करपाचें थारायलां तुमी?'

'गांवांत वचपाचो प्रस्नूच ना. हांगाच खंयतरी नोकरी सोदपाक जाय. म्हज्यो ह्या गांवात चड वळखीय नात. तुमची वळख आसल्यार म्हाका एकाद्र्या दुकानांत वा शाळेंत खंयतरी एकाद्री नोकरी मेळोवन दिल्यार तुमचे खूब उपकार जातले.'

'तुमचें इतलें मॅरीट आसा, आनी तुमी दुकानांत वा शाळेंत नोकरी करतलीं?'

'पन्नास वर्सांपयलीं शूद्र म्हूण जल्माक आयिल्लें अशें समजतां' अशें सत्यान हांसत म्हणलें. मागीर परतें गंभिरतायेन म्हणलें, 'शूद्र आनी बायलो सारक्योच. दोगांकूय शिक्षणाचो अधिकार ना. एके नदरेन पळयत जाल्यार हें इतलें घडूंक म्हजें शिक्षणूच जापसालदार. आतां म्हजें कांय शिक्षण जालेंच ना अशें समजतां. पोट भरपाक कसलोय तरी उद्देग जायच न्हय.'

तागेलें उलोवणें आयकून मुद्देगौडा उदास जालो. ताका कळनाशिल्लें हें आतांचे परिस्थितीविशीं कित्याक उलयना. तो मोन्यांनी सत्याच्या चेहऱ्याकडेन पळयत बशिल्लो. तागेल्या कालच्या चेहऱ्यांत आनी आयच्या चेहऱ्यांत खूब फरक जाणवतालो. पूण जुस्त कसलो फरक हें स्पश्टपणान लक्षांत येनाशिल्लें. हाचेपयलीं ताणें केन्नाच इतलें म्हऱ्यांतल्यान पळोवपाचो प्रस्नूच येवंक नाशिल्लो. दोन मिणटां विचार करतकूच ताच्या लक्षांत आयलें. ताणें विचारलें, 'तुमच्या कानांत कालचीं कानांतलीं नात, दुसरीं आसात.'

'हय! कॉलेजींतल्यान काडून उडयिल्ल्यान हीं नवीं घेतलीं.'

'म्हणल्यार? म्हाका समजलें ना.'

ताका खरी गजाल सांगची वो सांगची न्हय ह्या विचारांत तें दोन मिणटां तळमळ्ळें. सांगल्यार कितें जाता? तातूंत अपमान कसलो? निमाणें एका निर्णयाचेर येवन ताणें म्हणलें, 'जेवणाखातीर पयशे नाशिल्ले. भांगराचीं कानांतलीं - वेड पन्नास रुपयांक विकून ही पांच रुपयाची नवी वेड घेतल्या. ती वेड धव्या खड्यांची आशिल्ली. ही तांबड्या खड्यांची आसा. तीं फटीचीं, तेखातीर तांकां तेज ना. म्हूण तुमच्या सट्करून लक्षांत आयलें.'

हें आयकून मुद्देगौडा आनीकूय उदास जालो. ताणें विचारलें, 'ह्या रुमाचें भाडें कितलें?'

'चाळीस. एक तारखेर दिलें नाजाल्यार रूम सोडचो पडटलो. म्हाका भाडें दिवंक परवडचें न्हय होच ताचे फाटलो उद्देश आशिल्लो.'

एक मिनीट विचार करून मुद्देगौडान म्हणलें, 'एक तारखेर हांव तुमकां साठ-सत्तर रुपये हाडून दितां. तुमकां जेन्ना परवडटा तेन्ना तुमी ते परते करात. समज, दिवंक जमलें ना जाल्यार कांय नज. पूण हो रूम तुमी सोडूंनाकात.'

'ही जिद्द घेवन कितले म्हयने इतलें भाडें म्हाका दिवंक परवडटलें?'

'हाचेपरस कमी भाड्यांत तुमकां खंयच घर मेळचें ना. म्हाका दिसता इतल्या कमी भाड्यांत तेय तुमकां दिवचे नाशिल्ले. हेर खंयच्याय दादल्याक दिल्यार तांकां पन्नास रुपया मेळटले.'

'जाल्यार म्हाका कित्याक इतल्या कमी भाड्यांत दिलो तांणी?'

'घरमालकांच्यो आंकवार चलयो आसतल्यो.' ताणें हांसत म्हणलें.

दुसऱ्या दिसा सत्या कॉलेजींतले लायब्ररींत गेलें. आपलेकडेन आशिल्लीं लायब्ररीचीं पुस्तकां परतीं दिलीं आनी आपलेकडेन कांयच उरलीं ना अशे बरोवन घेवन आयलें. एक तारखेर आयजवेर केल्ल्या कामाचो मोबदलो मेळ्ळो ना जाल्यार कायदेशीर विचार करतलें, अशें बरोवन एक पत्र प्रिन्सिपॉलाच्या नांवार रजिस्टर्ड टपालान धाडून तें घरा परतलें.



# स

## 1

चलयेक व्हाणांनी बडोवन गांवांत परततकीच वेंकटरमणय्याचो राग देवंक नाशिल्लो. असली अवदिसा जल्माक आयली नाशिल्ली जाल्यार बरें जातलें आशिल्लें. हो अपमान गांवभर फाफसुचे पयलींच खंयच्या तरी रोगान मेल्लें जाल्यार बरें जातलें आशिल्लें. कशेंय करून हें लग्न मोडूं दी, अशें तो सदांच तिरुमलस्वामीक आरत करतना सामक्या भक्तिभावान विनवणी करतालो. तिडक, अपमान आनी असाहाय्य ह्या भावनांनी ताका अन्नाची रूच ना जावन गेल्ली.

तागेली प्रार्थना पंदरा-वीस दिसांतूच फळाक आयिल्ली. ताचेकडेन लग्न जावचो ना अशें तिरुमलेशान आज्याचो आनी आवयचो सोपूत घेवन सांगिल्लें. बेंगळूरांत वचनासतना म्हैसूराक गेलो. ही विस्वासाची बातमी वेंकटेशानूच सांगिल्ली खंय. आतां कसलीच चिंता ना. सुशेगाद रातीन न्हिदूंक जाता. जाल्यार ते रातीं ताचो मात लेगीत दोळो लागलो ना. हाचें कारण वेंकटेशान सांगिल्ली खबर. आतां तो थंड आसा. आनीक कांय दिसांनी ताचेच जातीची चली हाडून ताचें लग्न करतलीं. कितलोय जालो तरी तो चलो. हाच्या नशिबाक मात खत लागलें. नाकाशिल्ली आशा धरून उश्टें खावपाक गेल्लें, सगळो घात मारून घेतलो.

हें फकत वेंकटेशाचें सांगप न्हय. गांवांतले ब्राह्मण आनी हेरूय लोक अशेंच उलोवंक लागल्यात. अप्पाक चलयेची आनीक तिडक मारूंक लागली. रातीं न्हिदिल्लेकडेन काळखात दांत कड्डिडतालो. खंयच्याय वेळार मात्शी झेम आयल्यार लेगीत ताचें दांत कड्डूवपाचें केन्नाच थांबनासलें. भितरल्यान न्हिदिल्ल्या वेंकटेशान, 'कित्याक अप्पा, अशे दांत कड्डीतात?' अशें विचारल्यार - 'खरें?' अशें म्हणून ओगी रावतालो. बापूय म्हणटालो, हुशार जावंदी म्हूण हांवें स्कुलांत धाडलें. पयल्या वर्गांत पास जालें. हट धरून बसलें आनी हेडमास्तरांनी सांगलें म्हूण कॉलेजींत धाडलें. इतलें शिकून कसलो फायदो जालो? कसलें सार्थक जालें? जात-पात फट. पयलीं अशें आशिल्लें

आतां अशें आसा. भगवद्गीतेंत सांगिल्लो अर्थ विंगड आसा. असो रजेर आयिल्लें तेन्ना म्हजेकडेन वाद घाल्लो. तें एक चली. उलोवंदी अशें म्हूण ओगी रावलों. पूण खांदी घटमूट जातकीच कुराडीन ताचो उपेग केलो. आनी तीच झाडाच्या मरणाक कारणीभूत जाली.

चार-स दिसांनी ताच्या अदमासा प्रमाण लोकांनी म्हणपाक सुरवात केल्ली. 'उश्टें खावपाच्या आशेन गेल्लें घात मारून घेतलो.' ह्यो गजाली वेंकटेशाच्या कानार पडटकीच तो घराकडेन येवन सांगतालो. हो सदचोच कार्यक्रम जाल्लो. कांयजाण हीच उतरां मनाचें सांत्वन करपाच्या उद्देशान नमळायेन तांच्या समाधानाखातीर उलोवन दाखयताले.

एक दीस अप्पाक श्रीनिवासाचो राग आयलो. दोनीय हातांची साथ मेळ्ळेबगर ताळयो वाजनात. हाणेंच सत्याक वांगडा घेवन बोवाळ केलो. आनी स्वता वार चुकोवन आपली सुटका करून घेतली. सोसचें मात सत्याक पडलें. हें अशें जातलें म्हूण हाच्या लक्षांत कशें आयलें ना? इतलें शिकून लेगीत हाका अक्कल कशी आयली ना? इतलें बुदवंत. येदीं व्हडलीं व्हडलीं पुस्तकां वाचल्यांत. हांवें शिकयल्ली गिता आनी उपनिषदूय म्हैसूरांत वतकच तें परतें परतें वाचतालें. इतलें सगळें जाणून हाका ही दुर्बुद्ध कित्याक सुचली? म्हज्या व्हाणांचो मार खावनूय सत्यान थंडसाणेन म्हणलें, 'सगळे वेद सांगतात भेद-भाव फट म्हूण. दासांतूय तेंच सांगलां. कोण सांगता हें चड म्हत्वाचें न्हय. आपापलें अंतर्मनूच तें सांगत आसता. आपले अणभवूच आमकां दिका दाखयत आसतात. पूण ह्यो रुढी अंतर्मनाचो आवाज चिड्डून उडयतात. जांच्या आंगांत धिटाय आसा ते ह्या रुढींचेर जैत मेळयतात. आनी जगतात. भिजूड मनीस मात आंगाचेर माती ओडून मातयेंतल्या किड्यावरी आपली जीण जियेतात.'

अन्तस्करण खरें कितें तें सांगत आसता. रुढी अंतर्मनाचो आवाज चिड्डून उडयतात. सत्याचें अंतर्मनान कितें खरें सांगलें? जाती धर्म फट आनी हे सांगतात तें खरें? बेट्टय्याच्या मुखार लेगीत सगळें स्पश्ट सांगलें ताणें. आनी मुखार म्हाका म्हणूंक लागलें, हे बेट्टय्या काळे आनी तुमचोय रंग काळो. तांचेभशेन तुमचेंय नाक मोटें आसा. ओंठ दाट आसात. हांवूय काळें, म्हज्या आनी बेट्टय्याचे चलयेच्या रंगांत, रूप-आंगलोटांत कित्यांतूच चडसो फरक ना. वतांत भोंविल्ल्यान ताचें आंग मातशें करपलां इतलेंच. म्हणल्यार म्हार-मांगांत आनी ब्राह्मणांत फरकूच ना? देवान रंग दिला. जातीय देवानूच केल्यात. रंग सारको आसलो म्हूण जातीय कशो सारक्यो जातल्यो? सत्या सांगतालें,

एक फावट मातंगी शेतांत कसलें तरी काम करताली खंय. सत्या म्हाका सोदूंक थंय गेल्लें खंय. कोणतरी परकी गांवचे लोक आयिल्ले आनी ते ह्या दोगांकूय आवय आनी चली समजले खंय. परकी गांवच्या लोकांनी तशें म्हणलें म्हूण रोखडेंच तें तिगेली चली जालें? हो विचार मनांत येतसावन ताचें अंतर्मनूच विचलित जाल्लें. तीन-चार दिसांभितर तो मुखेल विशयूच विसरून गेलो. दुसरो विचार ताचे तकलेंत भरलो. परतीं परतीं सत्याचीं उलोवणीं कानांत घुमतालीं. अंतर्मनूय खरें कितें तें सांगता. ह्यो रुढी अंतर्मनाक धांपून उडयतात. मातंगीक परकी गांवचे लोक तागेली आवय समजले खंय. हे मातंगीची याद मनांत येतकीच चलयेन केल्लीं कर्तूबां कांय खिणांत साप्प विसरून गेलो. इतले दीस मातंगीचो विशय पुराय विसरून गेल्लो ताची सत्यान याद करून दिली. हाका तातुंतलें कितेंय खबर तर आसची ना न्हय? कशें खबर आसतलें? वा बेठेंच एक उदाहरण म्हूण तिचो उल्लेख केल्लो आसतलो? पूण एक फावट मातंगीची याद येतकीच त्या संदर्भांतलो बारीक-सारीक तपशीलूय आतां याद जावंक लागलो. रातीं न्हिदतना, न्हातना, यज्ञोपविताची गांठ धरून 'ॐ तत् सवितुर्वरेण्यं...' म्हणटना, देवळांत पुजा करतकूच आरतीची तपकडी उंवाळटना...

2

बायल मेल्ली तेन्ना वेंकटेश आठ वर्सांचो आशिल्लो आनी सत्या चार वर्सांचें आशिल्लें. ताची आशिल्ली संपत आनी जमीन पळोवन लग्न जावंक चली दिवपी लोक कमी नाशिल्ले. वय लेगीत चडांत चड एकोणतीस-तीस वर्सांच आशिल्लें. तरीकूय वेंकटरमणय्यान दुसरें लग्न करूंक नाशिल्लें. पयलींचीं पांच वर्सां तावरेकेरीची एक जाण्टेली रांदप करून वाडटाली. वर्साक दोन तांबड्यो साडयो आनी पन्नास रुपया दिल्यार घरांतलें आनी भुरग्यांचें सगळें काम पळयताली. पूण चल्याक तुमकुरचे सरकारी ऑफिसांत क्लार्काची नोकरी लागतकूच ती आपल्या चल्या म्हऱ्यांत गेली. ताचेउपरांत स्वता रांदप करून तो भुरग्यांक ल्हानाचे व्हड करूंक लागलो.

बायलेक वचून दोन वर्सां जाल्लीं. कितल्या लोकांनी दुसऱ्या लग्नाखातीर विचारलें तेन्ना ताणें सगळ्यांक न्हयकार दिल्लो. पूण बायलेच्या वियोगाच्या दुख्खान उप्राशिल्लें वैराग्य मात आतां कमी जायत वतालें. कुडीच्यो विंगड विंगड अपेक्षा जागृत जावन मन हेवटेन तेवटेन धावंक लागिल्लें. देवळांत देवाची

पुजा करतना मन एकाग्र जायनाशिल्लें. हातूंत विपरीत अशें कांयच ना हें ताका जाणवतालें. दुसरें लग्न करप होच हाचेवयलो उपाय, हेंवूय ताका खबर आशिल्लें. पूण ताचें दुसरें मन सांगतालें, दुसरें लग्न केलें जाल्यार हीं भुरगीं आपल्या घरांत परकी जावन वतलीं. कितेंय जालें तरी एके बायलेकडेन घराचो अधिकार दिवन म्हज्या भुरग्यांचेर अन्याय जावंक दिवचो ना. ह्याच निर्णयाचेर ते परते परते येताले. हाका एकूच उपाय आशिल्लो तो म्हणल्यार एक बायल दवरपाची. तातूंत विपरीत अशें कांयच ना. लोक चार दीस उलयतले आनी मागीर तें सगळ्यांचें सवकळीचें जातलें. पुट्टटेगौडान दवरिल्ली बायल, गुंडय्यंगारानीं दवरिल्ली बायल म्हूण कांय जाण गांवांतले वळखताले. तरिकूय तातूंत त्या बायलांचे वा दादल्याचे नदरेन अपमानाचें अशें कांय नाशिल्लें. आपणेंय अशीच एक बायल दवरली जाल्यार वर्सांतल्यान थाराविक नाचणो, धान्य, नाल्ल आनी दोन न्हेसणां दिल्यार जालें. मागीर तकलेक आनी ताण ना. असो विचार कितलेच फावट मनांत येवन वतालो.

पूण आपूण देवाचो पुरोयत. पुरोयतान अशें करूंक जायना असो काय कायदो ना. देवळाचे धनी तिरुमलेगौडा एकाद्रो हो प्रस्न विचारतले. त्यावेळार फाफडून उडयल्यार जालें. कांय दीस ही भानगड लिपोवन दवरपाक जाताली. पूण गांवांतल्या वैष्णवांक आजुनूय श्रीनिवासाची पुजा स्मार्त करतात ही गजाल सहन जायना. तांकां हें कळ्ळें जाल्यार? कळटलेंच. मागीर मात ते वोग्गी बसचे नात. सरकारामेरेन वतले. 'असल्या मनशाकडल्यान देवपुजा काडून घेयात -' असो अर्ज घेवन ते कमिशनराकडेन लेगीत वतले. म्हजेकडल्यान काडून घेतकीच ही पुजा वैष्णवांकडेन येवंक जाय असलींय किजिलां ते करतले. इतलीं वर्सांसावन आमगेल्या घराण्यांत चालीक लागून आयिल्ली पुजा कशी सोडून दिवपाची?

ह्याच विचारांत चार-पांच म्हयने अशेच गेले. पूण कोणूच बायलमनीस मेळ्ळी ना. धिटायेन चार- पांच जाणाकडेन हाचेविशीं उलयल्यार अशी एकाद्री बायलमनीस मेळटाली. पूण हाचेविशीं कोणाकडेन उतर घालपाक ते फाटीफुडें सरताले. देवाची पुजा आपलेकडेन नाशिल्ली जाल्यार कसलोच भंय दिसचो नाशिल्लो. तशें पळोवंक गेल्यार देवळाची जमीन नाशिल्ली जाल्यारूय ताका कसलेच त्रास पडपाचे नाशिल्ले. स्वताचे शंबर माड, स एकर शेत, दोन एकर बाग इतलो ताचो म्हालवज आशिल्लो. संवसारांत हाचेपरस चड आनीक कितें जाय? पूण आपसूक कितले तरी पिळग्यांनी चलत आयिल्ली आठ एकर बाग आनी धा एकर शेत कित्याक म्हूण वगडावपाचें?

त्याच दिसांनी एक दीस ताची नदर मातंगीचेर गेली. हाचेपयलीं तिका केन्नाच पळयलें ना अशेतरेची गजाल नाशिल्ली. मांग वसतेंत रावताली ती. स्वताची एक खोंप सोडली जाल्यार स्वताचें म्हूण तिचें कांयच नाशिल्लें. सव्वीस-सत्तावीस वर्सांची विधवा. कोणूय दुसरें लग्न जावंक तयार आशिल्लो जाल्यार तिची लग्नाची तयारी आशिल्ली. पूण तसो कोणूय तिचे जातींतलो मेळ्ळो ना. तिचो रंग काळो आसलो तरी ती तरणाटे गायेवरी धश्टपुश्ट आशिल्ली. त्या दिसा सत्यान म्हणिल्लें तें खरें आसा! परकी गांवचे लोकांनी कोणेंय पळयलें जाल्यार सत्याची आवय म्हणपा सारकी आशिल्ली ती. काळे पडिल्ले दांत धांपले जाल्यार कांयच फरक जाणवनाशिल्लो. त्या दिसा सांजवेळां तो मळ्यांत पिकाक उदक दिलां काय ना तें पळोवपाखातीर शेतांत गेल्लो. ती तागेल्या शेतांतल्यो सुकिल्ल्यो बडयो एकठांय करून जळोव बांदताली. तो फाटलेवटेन आशिल्ल्यान तिगेलें लक्ष ताचेकडेन नाशिल्लें. ताणें अचकीत विचारलें. 'कितें हें?' तशें म्हणटकूच ती भियेली. आनी ताका पळोवन म्हणूंक लागली, 'भाकऱ्यो करूंक जळोव नाशिल्लो धनी.'

तिची कूड पळयतकूच मनांत बायलेविशींची तांगेली कामवासना जागृत जाली. पूण कशें उलोवप हें ताका कळना जालें.

तांणी म्हणलें, 'व्हर, हांवें कितें नाका म्हळां? रोटयेवांगडा खावपाखातीर नाल्ल जाय?'

'दिलो जाल्यार ही गरीब तुमगेलें बरें मागून खातली.'

मुखार कितें उलोवचें तें ताका कळ्ळें ना. तांच्या मनांतलें तिकाय कळ्ळें ना. लाकडांचो भोरो तिणें माथ्यार दवरलो.

'कित्याक वता? राव मात्शी.' ताणें म्हणलें.

'काळोख जालो आतां,' भोऱ्याक हात लायत तिणें म्हणलें.

आतां आपूण कांयच उलयलो ना जाल्यार ती हांगाच्यान वतली हें लक्षांत येतकूच ताणें म्हणलें, 'भोरो सकयल देंवय. नाल्ल दितां तुका.'

भोरो सकयल दवरून ती उबी रावतली.

मुखार कितें उलोवपाचें? मागीर ताणेंच म्हणलें, 'इतली पिंजिल्ली साडी कित्याक न्हेसल्या?'

'ह्या गरीब रांड बायलेक कोण हाडून दितलो धनी?'

'हांव दितां पयशे. जात्रेंत घे.'

ती ओगीच उबी रावली. ताणें परतें विचारलें, 'कळ्ळें काय ना तुका?'

तिगेल्या लक्षांत आयिल्लें की ह्या धनयाची बायल मरून तीन वर्सां जाल्लीं. तीस-बत्तीशींतलें वय. ताणें अशें विचारलें तातूंत तांची कांय चूक ना. आपले वसतेंतले आपलेवरीच कांय बायलांक ब्राह्मण हात लायतात म्हूण तिकाय खबर आशिल्लें. पूण हे देवाचे पुरोयत! गर्भकुडींत वचून काळ्या फातराच्या देवाक हात लावन पुजा करपी पुरोयत! त्या देवाक तिणें केन्नाच पळयलो ना. आनी तें शक्यय नाशिल्लें. तिगेले जातींतले लोक मारम्माचे देवळांत वताले. वयले जातींतल्या लोकांच्या देवळांत वचपाचो प्रस्नूच येनाशिल्लो. तशें वचपूय न्हय. ह्या वयल्या जातींतल्या लोकांचे देव आपले मारम्मापरस श्रेश्ट आशिल्ल्याचें तिका खबर आशिल्लें. उंच जातीचे देवाची पुजा करपी लेगीत मारम्माची पुजा करपी 'जांबव' (हरिजन) जातीपरस श्रेश्ठ. इतले उंच जातींतल्या मनशाक हांवें आफुडिल्ल्यान त्या देवान आपल्याचेर आनी आपले वसतेचेर वायट नदर घाली जाल्यार आमची गत कितें जातली?

'कित्याक, कितें म्हणटा तूं?' ताणें परत विचारलें.

तिणें म्हणलें, 'तुमी देवळांतले देवाची पुजा करतात धनी.'

कोणे तरी तोंडार थापट मारिल्लेवरी तांकां जालें. जे पदवेन आतांमेरेन तांकां समाजांत मान आशिल्लो, ते पदवेचो ती उच्चार करताली. जे शब्द आपणाले स्पर्धक श्रीवैष्णव म्हणटले अशें दिसतालें तेच ती सांगताली. कितें सांगूंक सोदता ही? मातंगी सकयल मान घालून उबी राविल्ली. काळोखूय बरोच जाल्लो. धा पावलावयल्यान पळयल्यार ती एका मोटव्या माडावरी दिसताली. 'कोणूय पळयत म्हूण भिता?' अशें म्हूण ताणें तिका हात लायलो.

वंय हुपून जेन्ना ती वचपाक भायर सरली तेन्ना ताणेंच तिच्या माथ्यार भोरो दिलो. भोरो घेवन ती झरझरीत बांदावयल्यान देंवन पांयवाटेन तळ्यामेरेन आयली आनी थंयच्या बांदावयल्यान आपले वसतेंत गेली.

काळखांतल्यान तो घराकडेन पावलो तेन्ना भायल्या सोंप्याचेर लापयांवाच्या उजवाडांत वेंकटेश आनी सत्या अभ्यास करीत बशिल्लीं. हुमरो हुपूंक भितर येवपाखातीर उखलिल्ले पांय तशेच फाटीं काडले. आपणे मांग वसतेंतले बायलेक आफुडिल्ल्याची याद ताका जाली. भितर पावल दवरप ताका जमलें ना. आनी तो थंयच्यान परतो भायर सरलो. त्याच पावलांनी शेतांत गेलो. शेतांतल्या कुंडात आंगावयल्या कपड्यांसयत भितर देंवलो. माथें बुडमेरेन बुडी मारून भायर आयलो. आंगावयले सगळे कपडे देंवयले आनी घट पिळून परते तोच घालून ते घरा परतलो. पांयांतल्यो व्हाणो मांगानीच केल्ल्यान त्यो भशटवपाचो प्रस्नूच नाशिल्लो.

सात वर्सांच्या सत्यान बापायक विचारलें, ‘अप्पा, ह्या वेळार ओले कपडे आनी माथेंय ओलें? अशें कित्याक?’

‘न्हावन आयलों कुंडांत.’

‘थंड उदकांत कित्याक न्हाले? घराकडेन उदक तापोवंक जायनाशिल्लें? सकाळीं अनवाळें न्हेंसपाचें आसता, आतां कित्याक?’

हे शिटूक चलयेक कितें जाप दिवपाची तें ताका येवजना जालें. पूण परतो तोच प्रस्न तिणें परतो विचारलो तेन्ना ताणें सांगलें, ‘कोणतरी पयसुल्लो सोयरो मेल्ल्याची खबर मेळ्ळी म्हूण न्हावचे पडलें.’ आनी मागीर ताणें सुकिल्ले कपडे घाले. मागीर सत्यानूच विचारलें, ‘अप्पा सुतकाचें न्हावप जातकच जानवें बदलूं नाका?’

हय, सामकें खरें, तुगेलें सांगप सामकें खरें. ब्रह्मगांठ घाल्लें जानवें फकत भिजोवन शुद्ध जायना. मांग बायलेक आफुडटकूच तें बदलूंक जाय. नाजाल्यार देवळांत वचून देवाची पुजा कशी करपाची? ह्या विचारासरशीं रेशमी मुकटो न्हेसून - ‘यज्ञोपवीतं परमं पवित्रं’ म्हणत नवें जानवें घालें.

रांदप करपी आजीबायन जेवंक वाडलें. दोगांय भुरग्यांच्या मदेकांत बसून तो जेवलो. आनी मागीर तीन हातुणां घालून दोगांय भुरग्यांच्या मदेकांत तो न्हिदलो. आजीबाय भितरले कुडींत न्हिदली. त्या दिसा तांच्या मनांत एकेतरेचें समाधान दिसतालें. कितेंय कळचे पयलींच बेगीनूच घडपाचें तें घडून गेलें. हें सुख अणभवून कितलीं युगां गेल्लीं. कितले जल्म गेले कोण जाणा. पूण... पूण... एके मांग बायलेक आफुडलों हांव. हांव एक सामान्य मनीस आशिल्लों जाल्यार गजाल वेगळी आशिल्ली. ब्रह्म रथोत्सव करपी, ब्राह्मणांच्या देवाची पुजा करपी ब्राह्मण हांव. हांवें अशें वागप योग्य आसा व्हय? मन एकेवटेन खातालें. निमाणें तांणी मनांतले मनांत म्हणलें, आयज जें घडलें तें घडलें. हाचेमुखार तिचेकडेन हुंगून लेगीत पळोवचो ना. पूण तेंय शक्य ना अशे ताचे मन विचार करून परतें परतें सांगतालें.

दुसऱ्या दिसाय सूर्य अस्ताक वतकूच तो भाटांत गेलो. तो थंय पावतकूच कांय वेळान मातंगीय थंय आयली. आयज मात ताणें तिका हात लावचे पयलीं आंगावयले सगळे कपडे देंवयले आनी ल्हानसोच वालो कमरेक वेडायलो. पयल्या दिसा त्या दोगांयलीं कांयच उलोवणीं जावंक नाशिल्लीं. आयज मात सुशेगाद बसून उलयलीं. ताणें दिल्ली धा रुपयांची नोट तिणें कमरेक लायली. ताणें विचारलें, ‘कितें करतली पयशांचें?’

‘तशेच दवरतलीं !’

'साडी घेवची ना?'

'आतां घेतली जाल्यार वसतेतल्या लोकांक दुबाव मारतलो. मागीर मारम्माची जात्रा भरता तेन्ना विकती घेतां.'

तिगेल्या बुदवंतकायेची तांकां तोखणाय दिसली. मनांत एकेवटेन दुबाव येवंक लागलो. ताणें म्हणलें, 'मातंगी, हें कोणाकूच कळूंक जायना हांऽ'

'ताचो तुमकां हुस्को कित्याक धनी? मातंगी म्हणल्यार असली तसली बायल न्हय.'

ती थंयच्यान वतकच ताणें त्या वाल्यासयत कुंडातले उदकांत उडी मारली. भायर येवन तो वालो पिळलो आनी आपलें आंग पुसलें. वयेंचेर काडून दवरिल्लें पुडवें आनी सदरो घालून ताणें तो वालो परतो घट पिळ्ळो. ताची चारपदरी घडी करून माथ्यार पांगरून पायांत व्हाणो घालून ते घरा आयले. माथ्यावयल्या ओल्या वाल्याकडेन सत्याचें वा वेंकटेशाचें लक्ष गेलें ना. तो वालो न्हाणयेंत खुटयाळ्याक लायतकच ताच्या लक्षांत आयलें आयजूय जानवें भश्टलें. तरीकूय घरांत चार पांच जानवीं आशिल्लीं.पूण जानवें सदांच बदलूवप म्हणल्यार! पूण हाचेर उपाय कितें?

ह्या विचारांत तो देवघरांत गेलो. रेशमी मुकटो न्हेसलो. मनांतल्या मनांत 'यज्ञोपवितं परमं पवित्रं' म्हणत ताणें नवें जानवें घालें.

ते रातीं हातूणाचेर पडटकच एकूच चिंता ताका मनाक खाताली - जानवें भश्टूचें न्हय जाल्यार कितें करपाचें? सदांच जानवें बदलप शक्य जावचें ना. विचार करून ताका सामकें पुरो जालें. निमणे एक विचार सुचलो. घरांत रेशमी उत्तरीय आसा. वतना तें खांद्यार घालून वचपाचें. रेशमी कपड्याक भश्ट ना आनी गंगेचेर गेल्यार भश्ट ना अशीय एक म्हण आसा. तिचेकडेन वतना जानवें कमरेक गुटलावपाचें. ताचेर रेशमी उत्तरीय वेवस्थीत गुटलावपाचें. मागीर काम जालें. मागीर तें रेशमी उत्तरीय भिजोवपाची गरज ना. हांव कसोय न्हातांच. तेन्ना जानवें भिजतलेंच. मागीर बदलपाचो प्रस्नूच ना.

दुसऱ्या दिसा सांजवेळां मातंगीन ल्हवूच विचारलें, 'सदांच आयली जाल्यार कोणाक दुबाव येवचो ना न्हय?'

'कोण पळयतलो?'

'पूण कोणेंय पळयलें जाल्यार? ह्या गांवचे लोक म्हणल्यार...! उमाशेपयलीं काळोख आसता. त्यावेळार सदां मेळूंया. चान्नें आसता तेन्ना आमी येवचें न्ही.'

'म्हणल्यार म्हयन्यांतल्यान पंदरा दीस मेळनासतना रावपाचें?'

'उमास जातकूच दोन-तीन दीस लेगीत खूब काळोख आसता न्ही?'

'हं. बारा दिसाचें कितें?'

'इतली आस बरी न्ही धनी!' ती आपल्याकूच उपदेस करता तें पळोवन ताका हांसपाक आयलें. रागूय आयलो. तिणें मुखार म्हणलें, 'आनी कुंपण (वंय) वेवस्थीत करूंक जाय. म्हणल्यार गेटींतल्यान भितर येतकीच कुलूप लायल्यार काम जालें. आनी मागीर कसलोच भंय ना.'

तिचीं शाणेपणाचीं उतरां आयकून ताका तिची अपुरबाय दिसली. आनी दुसऱ्याच दिसा 'गांवांत चोरांचो सुळसुळाट वाडला. म्हार-मांग तर बागेंत घुसून नाल्ल चोरून घेवन वतात. निर्वंश जावं दी तांचो' अशें म्हणून ताणें भोंवतणची वंय घटमूट केली आनी गेटीक कुलूप लावन वेवस्थीत बंदोबस्तूय केलो.

एक दीस मातंगीन विचारलें, 'तुमी देवाची पुजा करतात. म्हाका कांय जावचें ना न्हय?'

'तुका कितें जातलें?'

'देवाचो कोप जावन शाप दिलो जाल्यार?' मातंगीन म्हणलें.

'कांय जावचें ना. हांव हें रेशमी वस्त्र न्हेसलां न्हय? मागीर कुंडात न्हातलों आनी अनवाळें न्हेसतलों.'

ह्या उतरान तिचें समाधान जालें काय ना कोण जाणा! पूण ताच्या मनांत एक दुबाव आयलो. दुसऱ्या दिसा देवळांत पुजा सोंपोवन मंगळारत करतना भंयान सगळ्या आंगाक थरथरो मारलो. खंयच्या काळांतली ही मंगळारतीची तबकडी म्हूण कोण जाणा. तातूंत आशिल्ल्या पांच निरांजनांत प्रत्येकांत चार-चार वाती घालून पेटयतकीच खूब उजवाड पडटा. तातूंत देवाच्या दोळ्यावयली चांदीची पट्टी, कपलावयलें नाम, माथ्यावयलो मुकुट चकचकता. 'साम्राज्यं, भोज्यं...' म्हणत मंगळारत देवाम्हऱ्यांत व्हरतकच ताका भंय दिसलो. आदल्या दिसा मातंगीन विचारिल्लो प्रस्नूय तांच्या मनांत घोळूंक लागलो. ताणें रोखडीच मंगळारत सोंपयली. देवाच्या चांदीची पट्टेची चकचक कमी जालो तसो ताचो भंय कमी जायत गेलो. न्हावन आचमन करतकूच कसले भश्ट उरता? समज, एकाद्रे सुणें अकस्मात आफुडलें जाल्यार आमी कितें करतात? न्हावन आचमन करतात. मातंगीक आफुडल्यार तितलेंच! पूण जानव्याक भश्टयलें नाजाल्यार जालें. इतली जतनाय घेतल्यार पुरो. तातूंत भिवप कित्याक? अशें ताणें म्हणलें तरी मंगळारत देवाच्या चेऱ्यामुखार आसतना थंय पळोवपाचें ताणें सोडून दिलें.

### 3

मातंगीच्या सांगातांत ताणें तीन वर्सां सारलीं. घरांत रांदप करपी आजीबाय म्हयन्यापयलींच तुमकुरांत चल्याकडेन गेल्ली. तेखातीर घरांतलो वावर वेंकटरमणय्या करतालो. धा वर्सांचें सत्यभामा आनी चवदा वर्सांचो वेंकटेश घरांत आशिल्लीं. पूण भुरग्यांकडल्यान कांयच करून घेनाशिल्लो. स्वताच रांदप करतालो.

एके रातीं मातंगीन म्हणलें, 'धनी, गडबड जाली!'

'कितें जालें? कसली गडबड?' ती पयशे उखलपाखातीर सांगता दिसता, अशा दुबावान ताणें विचारलें.

'हांव गुरवार आसां दिसतां!'

'कितें?'

ती गुरवार म्हूण सांगतकूच असभाविक अशें कांयच नाशिल्लें. तरीकूय तो भियेलो.

'म्हयनो जावन गेलो. तन्न्या बांबूचो काडो करून पियेलीं. तरीय ताचो कांयच उपेग जालो ना.'

आतां मात तो काचाबूल जालो. कपलाक हात लावन ओगी बसून रावलो. पयशे खर्च करपाची तांची तयारी आशिल्ली. पूण हें नाजूक काम तुमकुरांत वचून करून घेवपाची जापसालदारकी कोणाचेर घालपाची? असल्यो गजाली ताणें आयकल्ल्यो पूण पळोवंक नाशिल्ल्यो आनी प्रत्यक्ष अणभव घेवंक नाशिल्लो.

'तुज्या वाड्यार कोणेंय विचारलें जाल्यार आनीक कोणाचेंय नांव सांगूंक जायना?'

'तुमगेल्या पांयांक आफूडटकीच आनी दुसऱ्या कोणाक पळयलें लेगीत ना.'

हेंवूय ताका खबर आशिल्लें. पूण आतां हातुंतल्यान भायर कशें सरपाचें?

मातंगी वेव्हाराचे बाबतींत खूब सादूर आशिल्ली. ताणें पयशे दिल्यार केन्नाच नवे कपडे विकते घेनाशिल्ली. काम करपाचेंय तिणें सोडूंक नाशिल्लें. विचारल्यार सांगताली, 'झेतान भोंवली जाल्यार वसतीतल्या लोकांक म्हजो दुबाव येवचो ना? दिसा उजवाडा शेतांत, बागेंत, भाटांत काम करतना अचकीत तो मुखार आयल्यार लेगीत ती मान वयर करून पळयनाशिल्ली. आपली सावळीय ताचेपसून धा हात पयस आसूंक जाय हाची ती दखल

घेताली आनी पयसुल्ल्यान वताली. केन्नाच आपूण जावन पयशे मागिनाशिल्ली. ताणें आपूण जावन दिल्ले पयशे आपले खोपींत व्हरून सांबाळून दवरताली. एकठांय केल्ले पयशे ताच्या हातांत दिवन तिणें दोन दागिनेय करून घेतिल्ले. आयज तिचेकडेन सुमार एक हजारांचे दागिने आशिल्ले. पूण ते तिणें केन्नाच आंगार घालून मिरयले नात. तुजेकडेन कशे आयले हे दागिने, अशें कोणेंय विचारलें जाल्यार?

दुसऱ्या दिसा ती आयली तेन्ना तांचीं त्याच विशयाचेर उलोवणीं जालीं. तिगेलो हात हातांत घेवन ताणें म्हणलें, 'मातंगी, आजवेर तुका हांवें फटयलें ना. म्हजी अब्रू राखप आतां तुज्याच हातांत आसा.'

'धनया, तुमचे पांय आनी तळ्याम्हऱ्यांत आशिल्ल्या तिमय्या देवाचे पांय कितें विंगड आसात? हांव काय तसली हलकट बायल न्हय.' ताच्या पांयांक हात लावन तिणें म्हणलें.

दुसऱ्या दिसा सांजवेळा तो सदचेवरी भाटांत गेलो. काळोख जाल्लो. ती आयली ना. रात जाली तरीकूय आयली ना. रात खूब जाली तरी ती आयली ना. वाट पळोवन पळोवन पुरो जातकूच तो घरा परतलो. दुसऱ्याय दिसा तशेंच जालें. ती आयलीच ना. तिजेकडेन भाटाच्या गेटीची कुलपाची चावी आशिल्ली. कोणूय पयलीं येवन वाट पळोवन गेल्ल्याची थारायिल्ली खूणय लाकडाफाट्याकडेन दिसली ना. तिसऱ्या दिसाय ती आयली ना. तेन्ना मात ताका हुस्को जालो. तावरेकेरे पलतडी हेग्गट्टेंत कोणतरी तिगेले सोयरे आसात. तिणें खूब फावटी सांगिल्लें 'थंय म्हगेली मावशी आसा' खंयच्या नात्यान मावशी. आवयची भयण काय आनी पयसुल्लें नातें. हें ताका सारकें खबरनाशिल्लें. थंय नाजाल्यार आनी खंयतरी गर्भपात करपाखातीर गेली आसतली. तिका कांयच त्रास जावचो न्हय अशे ताका मनांतल्यान दिसतालें.

पंदरा दीस जाले तिची कांयच खबर नाशिल्ली. वीस दीस जाले कांयच कळ्ळें ना. म्हार-मांगाचे जातींतले तिच्या वाड्यावयले कितलेतरी लोक तागेल्या शेतांत, भाटांत काम करूंक येताले. तातुंतल्या कोणाकडेनूय तो उलोवंक लागलो जाल्यार पयसुल्ल्यानूच, सकयल मान घालून जाप दिताले. हेर ब्राह्मणांकडेन ते इतले शिस्तीन वागनाशिल्ले. पूण हे देवळाचे पुरोयत जाल्ल्यान हांचेंविशीं तांकां भक्तीभाव आनी एक तरेचो भावार्थ आशिल्लो. कोणाकूय विचारचें अशें ताका दिसलें. पूण कोणाकूय दुबाव आयलो जाल्यार? हे बायलेन खंय जीव दिलो जाल्यार? पूण तशें कितेंय घडिल्लें जाल्यार गांवांत खबर पावतली आशिल्ली. ह्या विचारान ताका मात्शें बरें दिसलें.

एक म्हयनो जातकूच खबर कानार पडली. शिवगेरेंतल्या वसतेंतलो तिचेच जातींतलो एक विदूर थंय रावतालो. हेग्गट्टांतल्या मावशेनूच तिगेलें लग्न पंदरा दिसां पयलीं करून दिलें. मातंगीन तिरुमलापूरांतलो मातंग-वाडो मात सामकोच सोडून दिलो. तिगेले खोंपीक कुलप लावन गेल्ली ती आतां परती कित्याक येतली? तिगेलें गुरवारपणाचें प्रकरण इतले सोपें रितीन सोंपिल्ल्यान ताकाय बरें दिसलें. दोन दीस कांयच येवजिनासतना सुशेगाद गेले. पूण हाचे फुडें मात ती आपल्याक केन्नाच मेळची ना हें येवजून ताचें मन खंती जालें. दोन-तीन दिसानीच ताका पिशें लागिल्लेवरी जालें. थारायिल्ल्या वेळार भाटांत चुडटांच्या राशीकडेन बसतालीं त्या जाग्याक एक चित्तान पळयत बसतालो. मागीर आंगावयल्या कपड्याचेरूच कुंडांत उडकी मारून न्हावन येतालो. मागीर सुद्धीर येतकूच 'हांवें कित्याक कुंडांत उडी मारली' अशें म्हणून आंगावयले कपडे सुकोवन घराकडेन येतालो. मातंगी ज्यावेळार ताका जाय त्या त्या वेळार ती ताका मेळटाली. तेन्ना ताका तिचें म्हत्व कळनाशिल्लें. तिची भेट जावचे पयलीं णव वर्सां ताणें आपल्या बायलेवांगडा संवसार केल्लो. मातंगीकडेन संबंद आशिल्लो तीं सुमार तीन वर्सां. मनांत तो दोगांयची तुळा करतालो. आनी मन मातंगीतले अणभव घेतिल्ल्या स्त्रीत्वाची परती परती याद करून दितालें.

ताणें तिका उजवाडांत सारकी पळयली नाशिल्ली. रातीच्या काळखापरस गडद रंगाचे आकृतीचो भास जावपी मातंगी कायंच मागनासतना तागेलें मन मात पुरायपणान हिरावन घेवन गेली. कितें तरी कामाचें निमित्य करून वो एकाद्री गाय शेणल्या अशें कारण येवजून शिवगेरेचे वसतेंत वचून तिची भेट घेवन येवची अशें ताका दिसतालें. हांगाच्या हांगा सुमार णव मैलूच आसा तें. पूण फकत भेट घेवन खबरो मारून कितें जावपाचें आसा? तिका गांवांत हाडून दवरपाक तितली धिटाय आसा म्हजेकडेन? ही देवाची पुजा नाशिल्ली जाल्यार हांव दवरून घेताशिल्लोंच. पूण इतलेखातीर देवाचो पुजेचो मान, देवळाच्यो जमनी वगडावपांत कांयच अर्थ ना, हेंवूय ताका कळटालें. फकत जमनीचोच प्रस्न नासलो. गर्भकुडींत उबो रावन देवाक हात लावन पुजा करपाचो मान वगडावपाचो? हांवें हें वगडायलें जाल्यार कितले तरी जाण धांवन येतले हाचेखातीर. जमनीची म्हाका गरज ना, तरीकूय ते अय्यंगार हाचेर दोळो दवरून आसात. तांकां कित्याक मेळोवन दिवपाची? कित्याक दिवपाची?

ताणें भाटांत वचपाचेंच कमी केलें. आतां वेंकटेश पंदरा वर्सांचो जाल्लो. जमीन आनी घर-वेव्हाराविशीं ताका समज आयिल्लो. सदा सकाळीं भाटांत वचून पासय मारून येतालो. नाल्लाचेरूय तो बारिकसाणेन लक्ष दितालो.

अमक्या झाडाक इतलीं फळां आसात, तमक्या झाडावयल्या फळांचो आकार असो दिसता. पलतडच्या झाडावयलीं चार फळां दिश्टी पडनात. फळां तशीं गळून पडलीं नात. खंयच्या चोराचेंच काम आसा तें, अशें घराकडेन येवन सांगतालो. इतलेंच न्हय, म्हारवाड्यांतले अमक्याच मनशान तीं व्हेल्यांत, थंयच्यान ते नाल्ल अमक्याच सोऱ्याच्या दुकानांत पावल्यात, असो तो विस्वासान सांगतालो. शेताची आनी भाटाची जापसालदारकी चल्याचेर सोंपोवन ताणें चडवेळ देवापुजेखातीर दिल्लो. सांजवेळा भाटांत कोणूच वचनाशिल्लो. बेबदे मात सोरो पिवन नाल्ल चोरूंक येताले ते काळोख पडपाक लागतकूच. त्यावेळार आपलो अभ्यास करपाचो सोडून वेंकटेशाक नाल्ल राखपाक वचपाक आवडनाशिल्लें. आनी ताका तशी इत्साच नाशिल्ली. तिम्मप्पय्या देवाच्या पुरोयताची जमीन आशिल्ल्यान ताच्या नाल्लाक हात लावंक चडावत बेबदे भियेताले.

वेंकटरमणय्या आपलो चड वेळ देवपुजेक दितालो. सदांच सहस्त्रनाम पठणाची ताणें संवय लावन घेतिल्ली. खूब फुलां एकठांय करून एकेक फूल देवाक घालतालो. उपासाचें प्रमाण लेगीत ताणें वाडयिल्लें. पूण आतां लेगीत देवाच्या दोळ्यांवयली रुप्याची पट्टी लायिल्लो चेहरो पळोवपाक ताका भंय दिसतालो. मंगळारत दाखयतना मूर्तीची पावलां आनी कुडीचे हेर भाग तो पळयतालो. पूण चेहऱ्याकडेन मात आपली नदर तो व्हरनाशिल्लो.

ह्या काळांत फकत गांवातच न्हय तर म्हार आनी मांग वसतेंतूय कांय घडणुको घडल्यो. बायल- भुरग्यांक सोडून गेल्लो मांग-वसतेंतलो बेट्टय्या गांवात परतो आयिल्लो. मांग जावन लेगीत एक नळ्याचें घर, तीन एकर शेत आनी वीस माड ताचे मालकीचे आशिल्ले. ताचेभशेन सुंदर व्हाणो करपी भोवतणच्या वाठारांत कोणूच नाशिल्लो. ताच्या बापायच्या हातांतूय हीच कला आशिल्ली. अकस्मात एक दीस घराकडेन कोणाक सांगनासतना बेट्टा बायल-भुरग्यांक सोडून खंयतरी गेलो. अकस्मात म्हणल्यार ताचे फाटल्यान कांयच कारण नाशिल्ले अशें न्हय. मांगान मांगावरी रावंक जाय. पूण नळ्याचें घर, तीन एकर जमीन आनी वीस माड आपल्या हक्काचे म्हूण गर्वान ताणें मिश्यो वाडयिल्ल्यो. वाडयल्यो म्हूण कांयच जायना. मिश्यांची तोकां सकयल बागोवपाचीं सोडून ताणें तोकां वयलेवाटेन वळयिल्लीं. हें जुस्त केन्ना घडलें हें वेंकटरमणय्याक खबर नाशिल्लें. पूण गांवातले धनी, पटेल तिरुमलेगौडांक मात हें कळ्ळें. ताका ताणें वाड्यार आपोवन हेविशीं विचारलें तेन्ना बेट्टान म्हणलें, 'आपापले आवडी प्रमाण मिशी दवरली जाल्यार तातूंत कितें चुकलें?'

व्हडल्यो मिश्यो दवरप आनी तांकां पीळ घालून वयले वाटेन वळोवप हें गांवातल्या पटेलाचें वैशिश्ठ्य. पूण मांगाक इतली मस्ती मारिल्ली पळोवन गौडांक कशें सहन जातलें? आपलेकडेनूच काम करपी दोन म्हारांक आज्ञा दिवन आपयले आनी ताका थंयच्या खांब्याक बांदून चाबकानीं बडोवपाक सांगलें. ते मांग जातीचे आशिल्ले जाल्यार आपलेच वसतेंतल्या मुखेल व्यक्तीक आफडून मारताशिल्ले काय कोण जाणा. पूण हे म्हार. मांगापरस उंच जातीचे. आपल्याक मिश्यो नासतना ह्या मांगान मिश्यो वाडयल्यो म्हूण तांच्या मनांतूय मत्सर आशिल्लो. पटेलान म्हणलें 'कितें तोंडाक पळयता! लाय एक!' इतलें म्हणटनाच तांणीं बेट्टाक खाजूराच्या झाडापासून केल्ले दोरयेन खांब्याक सामको आवळून बांदलो आनी चाबकान मारूंक सुरवात केली. हात, मांडी, सगळ्या आंगाचेर चाबकांचे तांबडे वळ आयले, सगळ्या आंगाक सूज आयली. वयल्यान तांणी धमकायलें. 'आयज सांजवेळमेरेन मिश्यो काडल्यो नाजाल्यार फाल्यां गांवातल्या लोकांमुखार बसोवन म्हज्या मुतांत तुगेल्यो मिश्यो बुडयतलों. लक्षांत दवर.' आनी ताका बांदिल्ली दोरी सोडली.

ते रातीं तो वसती सोडून गेल्लो. तो खंय गेलो हें कोणाकूच कळ्ळें ना.

देशाचेर राज्य करपी तांबडे लोक आतां वतले अशी बातमी गांवांत पातळायिल्ली. गांवातलें वातावरण बदलिल्लें. त्याचवेळार बेट्टा गांवात परतो आयलो. स वर्सांनीं तो गांवात परतल्लो. तो गेल्लो त्यावेळार चलो आठ वर्सांचो आनी चली चार वर्सांची आशिल्ली. आतां चलो चौदा आनी चली धा वर्सांची जाल्ली. तागेले बायलेन आपल्या भुरग्यांक कुळारा, नेलमंगल लागसारच्या गांवांत एके वसतेंत सोडिल्लीं. भुरग्यांकूय गांवांतले गौडा लोक मारतले ह्या भंयान तिणें भुरग्यांक पयस दवरिल्लीं. ह्या वाड्यार काँग्रेसीचे मनीस चरको चलयताले खंय. जाती-भेद फट आसा हेंवूय सांगताले. बेट्टय्याचो चलो आनी चली गुड्डी थंय शाळेंत वतालीं. त्याच गांवात तांचेखातीर विंगड शाळा आशिल्ली खंय.

बेट्टा जेन्ना गांवात आयलो तेन्ना तो नवो मनीस जावनूच आयलो. आतांय ताच्या ओंठावयर मिश्यो आशिल्ल्यो. पूण त्यो वयर बागवल्ल्यो काय सकयल हें कोणाकूच कळनाशिल्लें. नाकासकयल केंस दसयिल्लेवरी दिसताले. ब्राह्मणांक लज जावपाइतले निवळ आनी धवे फुल्ल कपडे ताच्या आंगार आसताले. पेटयेंतल्या चरक्याचेर काडिल्ल्या सुतान विणिल्लें खादींचें पुडवें, कमीज आनी ताचेर बंद कॉलराचो कोट आनी माथ्याचेर गांधी तोपी असो ताचो भेस आशिल्लो. हो भेस फकत ताचो एकल्याचो नाशिल्लो. तिरुमलेगौडाचो आदोगाद

चलो मेलगिरीगौडाय हालींसरा असलेच कपडे घालतालो. तोय गांवांत आयलो म्हणटकूच वारांदार बसून चरक्याचेर सूत काडटालो. आतां गांवांत आयिल्लो बेट्टटा सांगतालो, इतले दीस आपूण गांधी-आश्रमांत आशिल्लो म्हूण. मुंबय मुखार गुजरातांत. ताणें सांगिल्लें तेन्ना ताचेर कोणेच विस्वास दवरलो ना. पूण थंय वर्सभर रावन आयिल्ल्या मेलगिरीगौडानच जेन्ना तें सत आसा अशें सांगतकूच हेर लोकांनी ताचेर विस्वास दवरलो. मेलगिरीगौडा लेगीत आश्रमांत एक वर्स रावन आयिल्लो. आतां बेट्टटाक कन्नड वाचूंक बरोवंक येतालें. हिंदी वो हिंदुस्थानी नांवाची भासूय तो उलयतालो. ही भास हांगाच्या मुसलमानांच्या भाशेवरी आशिल्ली, पूण तिचेपरस मात्शी वेगळी. अशें सांगताले की गांधी आश्रमांतूच कोणेतरी ताका कन्नड भास वाचूंक-बरोवंक शिकयिल्ली खंय.

तो गांवात परततकूच कांय दिसानीच दिवाणांचें वर्चस्व नाका आनी म्हाराजा शासनाचो अधिकार जनतेक दिवचो म्हूण चळवळ सुरू जाली. आयजवेर सगळो गांवूच न्हय, जाल्यार व्हडल्या वाड्यावयले लोकूय ताका बेट्टटय्या म्हूण उलो मारूंक लागले. हे चळवळेच्या वेळारूय बेट्टटय्यानूय मेलगिरीगौडांक तेंको दिवपी मोर्चे काडिल्ले. सांगपाचें म्हणल्यार दिवाण मद्रासाक गेले. आनी जाणीं मोर्चे काडिल्ले तांचेकडेनूच अधिकार आयलो. ताचे उपरांत मात वेंकटरमणय्यान केन्नाच कल्पना करूंक नाशिल्ल्यो अशो घडणुको घडूंक लागल्यो. म्हार-मांगाचे वसतेक 'हरिजन कॉलनी' अशें नांव दिलें. तसो बोर्डूय हुमकळायिल्लो. ते जातीचें नांवूच बदलून 'हरिजन' अशें दवरलें. महात्मा गांधीन तें नांव दवरिल्लें खंय. 'हरिजन' म्हणल्यार देवाचीं मनशां. 'तशें जाल्यार आमी देवाचीं मनशां न्हय?' असो प्रस्न सगळ्या गांवानूच विचारलो. गांधी वैष्णव जातीचो खंय. आपले जातींतलीं मनशां चड जावचीं म्हूण तांणी हो दाव सादलो. रामानुजाचार्यांनीय अशेंच करून म्हारां-मांगांक उबे नाम लावन आपल्या धर्मांत घेतले तशे. असो दुबाव लिंगायतानी उक्तायलो. फकत नांव बदल्लें म्हूण कांयच घात जावचो नाशिल्लो. पूण सत्ता हातांत येतकूच मोर्चा काडिल्ल्यांनी म्हारांक-मागांक घर बांदूंक सरकारी तिजोरेंतले पयशे दिले. सगळे म्हार-मांग तीन तीन मजली मंगळूरी नळयांच्या घरांत रावंक लागले. आता ताळेबांदार उबे रावन पलतडीं पळयलें जाल्यार कच्च जावपाची पाळी. आतां त्या वाड्याक म्हार-वाडो, मांगाची वसती म्हणप शक्य आसा व्हय? तिरुमलापुराच्या माथ्यार मारिल्लेवरी जालां. सगळीं तांबड्या नळयांची घरां. हाचेमागीर सरकार तांकां जमनी दितलो अशें म्हणटात खंय. आतां तेवूय शेतकार जातले खंय.

ह्याच काळांत गांवांत हायस्कूल आयलें. मेलगिरीगौडा आमदार जालो. बेट्टय्यान आपल्या चल्याचें तिम्मय्याचें नांव बदलून मोहनदास अशें दवरलें. चलयेचें गुड्डी बदलून मीरा नांव दवरलें.

दास हें तांचे जातीक सोबसारकें नांव आसलें तरी मोहन हें नांव दवरलें जाल्यार तो काळो मांग गुलगुलीत कृष्ण जावप शक्य आसा व्हय? अशेंय गांवातले लोक म्हणपाक लागले. मागीर कोणेतरी बातमी हाडली, हे उठसूट जे महात्मा गांधीचें नांव घेतात तांचें मूळ नांव मोहनदास आशिल्लें खंय. बेट्टय्यान आपल्या गुरुचें नांव चल्याक दवरलां. मीरा नांवाची एक कृष्णभक्त आशिल्ली खंय. ती महात्मा गांधीची गुरु आशिल्ली खंय.

गांवांत हें सगळें घडटना व्हडले धनी तिरुमलेगौडा शांततायेन आशिल्ले पळोवन सगळ्यांक अजाप दिसतालें. अशें थंडसाणेन रावप तांच्या रगतांत नाशिल्लें. पाळेगाराचें रगत तें! पूण तीन-तीन दिसांनी तागेलो आदोगाद चलो गांवांत येतालो आनी ताका विंगड विंगड गजाली सांगून बापायक शांत करतालो खंय. काळ बदल्ला. गांधीजीन सांगलां, हाचेमुखार अशेंच रावंक जाय; अशें तो सांगतालो खंय.

## 4

ह्याच काळांत, म्हणल्यार म्हारवाडो आनी मांग वसतेचें ‘हरिजन कॉलनीत’ रुपांतर जाल्लें त्या काळांत, मातंगी परती आयिल्ली. हांगासरल्यान घोवा घरा वतकूच तिणें एका भुरग्याक जल्म दिल्लो. चलो दोन वर्सांचो आसतना त्या चल्याक घेवन ती आपले वसतेंत आयली. तिगेलो घोव सामको बेबदो आशिल्लो खंय. मातंगीसारकेले बायलमनशेकडेन संवसार करपाक शक्य नाशिल्लो तो अजागळ मनीस आशिल्लो. ती हांगा कश्ट करून आपलें पोट भरताली. तिका कश्ट करपाकूच पडटालें. त्या बेबद्यावांगडा वळवळून कित्याक जगपाचें असो विचार करून ती उठून आयली. खरें पळोवंक गेल्यार तिचे जातींत निर्वेसनी आनी कोण मेळटलो? बेट्टण्णा मात पयलींसावनच पिनासलो. मातंगीन कोणाकडेनूय लग्न केल्लें जाल्यार तिका बेबदोच मेळटलो आशिल्लो. घोवागेर एका चल्याक जल्म दितकूच ती एकफावटी तिरुमलापुरांत आयिल्ली. तिगेलीं फकाणां करीत वसतेंतले बायलांनी तिगेल्या चल्याची वयलेवयर अपुरबाय केली. जंय आपूण जल्मल्ली आनी वाडली ते खोपीच्या मोगाक लागून ती लग्ना उपरांतूय वर्सांतल्यान दोन फावटी येवन वताली.

सरकाराकडल्यान घर बांदपाक पयशे आनी चार एकर शेत मेळटलें हाचीय तिका जाणविकाय आशिल्ली. आनी तेखातीर ती गांवांत आयली. घोवाच्या गांवातूय तिका जमीन मेळटा आशिल्ली. पूण मुखार सरून तिका पयशे मेळोवन दिवपाक मात थंय कोण नाशिल्लो. आनी कोणे मेळोवन दिल्ले जाल्यार लेगीत ती थंय रावता आशिल्ली काय कोण जाणा.

गांवांत येतकूच पोटाखातीर ती परत कामाक वचूंक लागिल्ली. घर आनी जमीन मेळोवपाखातीर बेट्टय्यान तिच्या नांवार अर्ज बरोवन ताचेसकयल ताणे तिगेल्या दाव्या हाताचो आंगठो वंगणाच्या तेलांत बुडोवन लावन घेतिल्लो. जमीन मेळून तातूंत पयलें पीक काडीमेरेन तिका आपलें आनी भुरग्याचें पोट भरपाखातीर काम करपाकूच जाय आशिल्लें. कामार वतना तिवूय तिचे जातींतल्या भुरगीं आशिल्ल्या हेर बायलांवरी भुरग्याक फाटीचेर बांदून घेवन वताली आनी काम जायसर तें भुरगें थंयच बांदाचेर खेळत रावतालें. केन्ना केन्नाय बेट्टय्याचे बायलेकडेन म्हणल्यार सुंकव्वाकडेन ती भुरग्याक दवरून वताली. दोन वर्सांच्या भुरग्याक एकलेंच बसून खेळपाची संवय जाल्ली. बापायगेर आसतानाय आवय-बापूय कामार वतकूच तो एकलोच खेळटालो. तेखातीर सुंकव्वाकडेन चल्याक दिल्यार लेगीत तिका ताचेर चड लक्ष दिवपाची गरज नाशिल्ली. सुंकव्वाक खंयच कामाक वचपाची गरज नाशिल्ली. पयलींसावन ताची स्वताची जमीन आनी माड आशिल्ले. बेट्टय्या जेन्ना मुंबयच्या लागसार गांधी-आश्रमांत वचून रावतालो, तेन्ना ती एकलीच सगळें काम सांबाळटाली. जमनीचेर लक्ष दवरताली. भुरग्यांक तिणें आपल्या कुळारा दवरिल्लीं. थंयच तीं भुरगीं शाळेंत शिकतालीं. बेट्टय्या गांवांत आयलो तरीकूय तिणें भुरग्यांक शाळेंतल्यान काडून गावांत हाडूंक नाशिल्लीं. बेट्टय्या मात आतां सगळ्यांक जायजायसो दिसतालो. वसतेंत पयलें मंगळूरी नळ्याचें घर ताचेंच आशिल्लें. बारा एकर जमीन एकाच जाग्यार वळीन ताका मेळिल्ली. आतां थंय ताणें पाचशें कवाथे लायिल्ले. वसतेंतल्यो सगळ्यो बायलो, दादले कामार वतकूच तांच्या भुरग्यांचेर लक्ष दिवपाचें काम ताणें आपले बायलेचेर - सुंकव्वाचेर सोपयिल्लें. ताचे सांगणे वयल्यान तिवूय सगळ्या भुरग्यांक सारकीच वागणूक दिताली.

पुजा करपाक देवळांत वतना वेंकटरमणय्यान मातंगीक रस्त्याकुशींतल्या शेताचेर काम करतना पळयली, तेन्ना ताचें पावल मुखार वचना जालें. तागेल्या अंतर्मनांतूच एक तरेची उत्सुकताय उत्पन्न जाली. मन उमेद आनी एकेतरेचे अपुरबायेन भरिल्लें. ही खंयच्यान आयली? केन्ना आयली? काम करून पोट

भरपाचें जाल्यार तिका हांगाच येवंक जाय. आपूण हांगा आयिल्ल्याची खबर म्हाका तिणें कित्याक कळयलीना. तिगेलें आपलेकडेन लक्ष वचचें म्हूण तो कांय खीण थंयच बोवाळपाक लागलो. शेजरा आशिल्ल्या पाटार पांय धुवपाची संद सादून ताणें कांयवेळ थंयच काडलो. सकयल बागोवन नडणी करतले मातंगीन मान वयर करून लेगीत पळयलेंना. हेर कामगार तशेच सकयल मान घालून काम करताले. आनीक कितलो वेळ असोच काडटलो? म्हूण उपाय नासून तो देवळाचे दिकेन वचूंक लागलो. पुजा करतना ताच्या मनांत मातंगीच भरून आशिल्ली. पुजा करून तो परतलो तेन्नाय मातंगी कामांत व्यस्त आशिल्ली. आतांय तिणें ताचेकडेन पळयलें ना.

दिसूयभर ताच्या मनांत खूब प्रस्न उप्रासताले. ती हांगाच रावता जाल्यार तिणें म्हाका कळीत कित्याक केलें ना. म्हजेकडेन आनी संबंदूच दवरुंक नाका म्हूण ती अशी वागता काय? तिच्याच मनांत ना जाल्यार हावेंच कित्याक इतलें आकुळपिकुळ जावपाचें? ताणें स्वताच्या मनाचें समाधान करपाखातीर खूब येत्न केलो. तरीकूय ताका तें शक्य जालें ना. त्याच दिसा सांजवेळां भाटा वटेन वतना मांग लोकांची वसती लागली. थंय तांगेल्या वसतेंतलो एकलो मेळ्ळो. ताचेकडेन बेट्टय्या गांवांत येत सावन वसतेंत कितें चल्लां हाची वासपूस केली. तेन्नाच मातंगीचोय विशय आयलो. तिका गांवांत येवन दोन म्हयने जाले. तिका दोन वर्सांचो चलो आसा. आनी ती भुरग्याक घेवन हांगाच रावतली. बेट्टय्यान तिका घर आनी जमीन मेळोवन दिवपाची वेवस्था केल्या. भाटांत एकलोच आसतना तो विचार करूंक लागलो. आतां सरकार तांकां इतली सवलत दिता. अन्न-वस्त्राची तजवीज करता. मागीर ती कित्याक येतली? पूण ती फकत अन्न-वस्त्राखातीर आपलेकडेन येनाशिल्ली अशें तांच्या मनान सांगलें. सेगीत तीन वर्सां ताका मेळटना तिणें केन्नाच ताचेकडेन कितेंच मागलें ना. ताणें दिल्ले पयशे पोटाखातीर केन्नाच वगडायले नात. तेन्नालेगीत ती स्वता कश्ट करून पोट भरताली. आतां लेगीत ती कश्ट करूनच पोट भरता. आतां अशी म्हाका कित्याक चुकयता? परतोय गर्भ धरतलो म्हूण भिता काय? बायलांफाटल्यान ही एक कटकट नाशिल्ली जाल्यार कितलें बरें जातलें आशिल्लें.

सुमार एक म्हयनो असोच गेलो. सोळा वर्सांचो वेंकटेश हायस्कुलांत वताली. बारा वर्सांच्या सत्यान आपले शाळेंत खूब हुशार म्हूण नांव मेळयिल्लें. जेवणाखाणाचेंय हालींसरा भुरगींच पळयतालीं. मातंगीचो विचार करिनासतना मन मेकळें दवरून रावप वेंकटरमणय्याक शक्य जालें ना. हालींसरा तो सदांच

सांजवेळा भाटांत वचपाक लागिल्लो. तो चल्याक सांगतालो, 'सांजवेळचो खंयच वचनाका, घराकडेन बसून अभ्यास कर.' एक दीस भाटांतल्यान येतना नशिबान मातंगीची मुखारूच भेट जाली. भोंवतणी आनीक कोणूच नाशिल्लो. तिका पळयतकूच ताच्या हड्ड्यांत धडधड्ंक लागलें. सकयल मान घालून ताका वाट सोडीत ती कुशींतल्यान वचूंक लागली. वेंकटरमणय्यान म्हणलें, 'मातंगी, मात्शी राव?' ती रावली ना. तशीच चलत रावली. चलपाचो वेग मात्सो कमी केलो. ताणें परतें म्हणलें, 'तुजेकडेन मात्शें उलोवंक जाय. भाटांत यो.' 'नाका धनी' - अशें म्हणत ती सडसडीत चलूंक लागली. 'देवाचो सोपूत आसा तुका. हें पळय, देवाचो सोपूत घाला हावें.' अशें म्हणत तो परतो आपल्या भाटांत गेलो. आपल्या कानार कायंच पडलें ना अशे तरेन ती थंयच्यान वचूंक लागली. तो भाटांतूच रावलो. ती येतलीच ह्या विचारांचेर अविस्वास दाखोवपाची ताची मातलेगीत तयारी नाशिल्ली.

पूण ती आयलीच. ताणें सुमार एका वरापरस चड वेळ वाट पळयतकूच ती आयली. काळोख जाल्लो. शेतां-भाटांतलीं गोरवां लेगीत घरा परतल्लीं. भोंवतणी जितो मूस लेगीत नाशिल्लो. ती एकलीच भाटा वयेंतल्यान भितर आयली आनी पयसूच उबी रावली. ताच्या हड्ड्यांत धडधडपाक लागलें. तिचे म्हऱ्यांत वचून हात धरपाचो येत्न करीत ताणें म्हणलें, 'तू परती गांवांत आयल्या म्हूण, म्हाका कळीत कित्याक केलें ना?'

'म्हाका आफूडनाकात धनी.' अशें म्हणत ती आनीकूय फाटीं सरली.

तिचे फाटोफाट वचून ताणें म्हणलें, 'म्हजेर रागार?'

एकाच जाग्यार रावन तिणें म्हणलें, 'तुमचेर कसलो राग?'

आंगावयल्या कपड्याचेरूच ताणें तिगेलो हात धरलो. ती आवाज काडिनासतना भितरले भितर रडटाली म्हणपाचें ताच्या लक्षांत आयलें.

'रडूंनाका तूं. म्हाका कांयच सांगनासतना तशीच कित्याक उठून गेली?'

'मागीर कितें करतली?' अशें म्हणत तिणें पदरान दोळे पुसले.

'म्हाका तुजी कितली याद येताली ती तूं जाणा?'

ती कांयच उलयलीना. ताणेंच मुखार म्हणलें, 'आतां तू हांगाच रावतली न्हय?'

'हय'

'घोवाक कित्याक सोडून आयली?'

'आतां हांव कोणाच्याच म्हऱ्यांत रावची ना.'

'म्हज्या बराबर?'

'तशें कांयच म्हणनाकात धनी.' अशें म्हणत ती परती रडपाक लागली हें ताच्या लक्षांत आयलें. तिगेलो हात धरून तिका म्हऱ्यांत घेवन तिका समजायलें आनी तो म्हणूंक लागलो, 'चल.'

'खंय?'

'चुडटांची रास आसा ताच्या आडोशाक.'

'नाका धनी.'

'कित्याक? राग गेलो ना?'

'राग न्हय.'

'मागीर? जें कितें सांगपाचें तें मागीर सांग. आतां चल.' तिका वेंगेत घेत ताणें म्हणलें.

सुरवेक तिका विरोध करपाक जालो ना तरीकूय दोन पावलांत तिणें स्वताच सावरलें आनी गंभिरतायेन म्हणलें, 'तशें करपाक जायना धनी.'

'कोणे सांगलें तुका तशें?'

'सुंकव्वान सांगलें. गांधी आश्रमांतल्यान येतसावन बेट्टय्या तिका हात लायना खंय. भुरगीं जातकूच घोव-बायलांनी एककडेन न्हिदचें न्हय खंय.'

'तो आश्रमांत आशिल्लो. पूण तिका केन्नाय इत्सा जाली ना?'

'घोवाक नाका जाल्यार बायलेकूय नाका. तातूंत कितें?' अशें ती म्हणटा.'

'कितेंय आसूं, तीं घोव-बायलां आसात. तांकां जायतें करूं दी. तूं आता म्हजेवांगडा चल.' म्हणत तिका म्हऱ्यांत ओडून घेतली.

एक पावल मुखार दवरतनाच ती रावली आनी तिणें विचारलें, 'तशें जाल्यार हांव तुमची रखेल ?'

हें आयकून वेंकटरमणय्या सामको गडबडलो. ती सूड घेवपाखातीर अशें म्हणटाशें दिसलें. पूण तिच्या आवाजांत तसो सूडाचो वास नाशिल्लो. कांयच जाप दिनासतना एके अदृश्य वणटीक आपटून उबो रावचो अशे तरेन तो एका जाग्यार उबो रावलो. तिगेले हालचालीवयल्यान तिणें पदरान दोळे पुशिल्ले म्हणपाचें ताच्या लक्षांत आयलें. धा मिणटांपरस चड वेळ तो तसोच उबो रावलो. ताका कांयच येवजनाशिल्लें. ती एका काळ्या फातराचे मूर्तेवरी उबी राविल्ली.

शेवटाक तिणेंच म्हणलें, 'हांव वतां.'

वचूंनाका म्हणूंक ताचें तोंड उक्तें जालेंना. वच म्हणचेंशें दिसलें ना. कांय खीण शांततायेन वतकूच तिणें परतें म्हणलें, 'चल्याक दनपरां भाकरी दिवन

आयिल्लें. चलो 'आवय खंय आसा?' अशें म्हणून रडटलो.' आनी ती गेटींतल्यान भायर सरली. ती गेल्ली ते वाटेक पळयत तो कितलो तरी वेळ पळयत उबो आशिल्लो. ती परती आयली आनी म्हणूंक लागली 'रस्त्यान दिसल्यार लेगीत म्हजेकडेन तुमी उलोवं नाकात. तुमची अब्रू लाख मोलाची आसा.' अशें सांगून थंयच्च्यान गेली.

## 5

वेंकटरमणय्या घराकडेन् आयिल्लो तेन्ना रातीचीं णव वरां जावन गेल्लीं. ताका पळयतकूच सत्यान विचारलें, 'अप्पा, इतलो वेळ खंय आशिल्ले तुमी?' हुनहुनीत शीत करून भुरगीं ताची वाट पळयतालीं. हात-पांय धुवन आचमनाचें शास्त्र जातकूच तो भुरग्यांवांगडा जेवलो आनी न्हिदलो. हांतूणार पडटकूच कांय वेळान रोखडीच दोनूय भुरग्यांक न्हीद आयली. पूण वेंकटरमय्याक न्हीद आयली ना. न्हिदिल्लेकडेन ताका याद जाली, मातंगीक आफुडटकीच कपडे भिजयनासतना, न्हायनासतना तसोच देवघरांत गेल्लो ताची. आचमनूय केल्लें. आतां हांतुणाक - पांगरुणाक आफडून तो ताचेर न्हिदिल्लो. आयज तिचेकडेन उलयतासतना ताणें तिगेलो हात धरिल्लो. फाटीवयल्यान हात भोंवडायिल्लो, तिका वेंगेत घेतिल्ली. आतां फकत घरांत न्हय तर देवघरांत लेगीत भश्टकार जाल्लो. आतां कितें करपाचें? फाल्यां उठ्ठकूच न्हावन जातकीच पुण्याहवाचन करूंक जाय. आनी घरभर आंब्याच्या पानांनी प्रोक्षण करुंक जाय. पूण ही समस्या ताका तितली व्हडलीशी दिसली ना. 'म्हणल्यार हांव तुमगेली रखेल?' हो मातंगीचो प्रश्न मात ताच्या अंतर्मनाक तोपतालो. तिगेलो आनी आपलो संबंद फकत पयशांखातीर न्हय हें ताका खबर आशिल्लें. पूण ताची शब्दांत व्याख्या करप ताच्या विचाराभायर आशिल्लें. हो एकतरेचे इश्टागतीचो संबंद आशिल्लो. पूण आपले पासून तिका एक भुरगें जालां. भुरगें जातकूच ह्या नात्याक फकत इश्टागत कशें म्हणपाक जातलें? मागीर हाका जोडपें म्हणपाचें? हें जोडपें तरी कशें जातलें? सत्कुलांत जल्मल्ले कन्येचो हात अग्निसाक्षीन हातांत घेवन मागीर हें सगळें जालेबगर जोडपीं कशीं जातलीं? शास्त्राप्रमाण कितले तरेचीं लग्नां सांगल्यात. तातुंतलो हो खंयचो प्रकार म्हणपाचो? अशें कितेंय थारायलें तरी हें लग्न मात जावंक शकना. लग्न जावन गर्भ धरून भुरगें जातकीच अज्ञात रावप खंयचेय तरेचे लग्नपद्धतींत बसना. मागीर तिच्या आनी म्हज्या नात्याक कितें म्हणपाचें?

विचार करून ताका पुरो जालें. थाराविक निर्णय घेवप ताका शक्य जालें ना. तरीकूय ह्या सगळ्या प्रकारांत तिगेलें स्थान मुख्य आनी आपले विचार कमीपणाचे ही भावना मात ताच्या मनांत जाणवताली. तिणें काय ताका न्हयकारलें ना. बायलमनशेच्या सभावाक सोबसारकें दोळ्यांत उदक हाडून सांगलें, 'हाचेमागीर हांव कोणाचेवांगडा रावची ना.' हाचे उपरांत शारिरीक संबंद नाका म्हूण ठामपणान सांगलें. म्हणल्यार लग्न जावन भुरगें जातकूच आतां तिणें वनप्रस्थाश्रम आपणायला काय? हें सगळें त्या मांग मातंगीक खंयच्यान कळटलें? गांधी ब्रह्मचर्य पाळटालो खंय. ताच्या आश्रमांत रावन बेट्टय्या शिकून आयला. ताचे बायलेकडल्यान मातंगी शिकता. हिका कित्याक हे गजालीचो वीट आयलो? भुरगीं जायत म्हूण भियेता काय? भंय दिसता जाल्यार तशें मेकळेपणान सांगताशिल्ली. तिच्या मनातलें स्पश्ट कांयच कळनाशिल्लें. तरीकूय वतना तिणें म्हणलें, 'वाटेर केन्नाय खंयूय दिसलें जाल्यार म्हजेकडेन उलोवं नाकात. तुमी तुमचो मान राखूंक जाय.' तिणें अशें कित्याक सांगलें काय? खऱ्यांनीच म्हजेखातीर, काय तिकाच नाका हें? पूण ती हें सांगतना कित्याक रडली? ती रडली हें काय फट न्हय. आपूण गुरवार आसा म्हूण सांगूंक आयिल्ली तेन्ना ती रडलीना. आतां ती इतली रडली तेन्ना ताच्या फाटल्यान फकत तिगेलेच विचार आसप शक्य ना.

मध्यान रात जाली तरी ताका न्हीद लागली ना. तितले म्हणसर तो तीन फावटी न्हाणयेंत वचून आयलो. फांतोडेर जेन्ना वेंकटेश अभ्यासक उठलो तेन्ना ताचे विचार मात्शे कमी जाले आनी ताका दोळो लागलो.

सकाळीं वेंकटरमणय्याक जाग आयली तेन्ना सूर्य बरोच वयर आयिल्लो. त्या दिसा शेनवार आशिल्लो. पटेल तिरुमलेगौडा स्वता देवळांत येवन स्वता पुजा करून घेवचो दीस. इतले म्हणसर ते घरांतल्यान भायर सरले आसतले. बेगबेगीन तो न्हालो, मुकटो न्हेसून खांद्यार रेशमी उपरणें घेवन तो वचपाक भायर सरलो. सत्यान ताका फाटल्यादारांतली मोगरेची फुलां, वेंकटेशान केल्लो निवेद्य दिलो आनी पूजेचें साहित्य घेवन तो देवळांत गेलो. तो देवळांत पावलो तेन्ना व्हडलो गौडा देवळाच्या हुमऱ्याचेर बसून वाट पळयत आशिल्लो. शेनवार आशिल्ल्यान कांय ब्राह्मण आनी रयत थंय आयिल्ले. ताका पळयतकूच गौडान विचारलें, 'कित्याक सायबा इतलो वेळ?' पुरोयतान 'बरो नाशिल्लों. आतांच उठलों हांव.' अशी जाप दिवन देवळाचें कुलप काडून तो भितर गेलो. ताचे मंत्रूय सुरू जाले. गौडा गर्भकुडीच्या दारांत उबो आशिल्लो. ताच्या फाटोफाट ब्राह्मण आनी तांच्या फाटोफाट हेर गौडा उबे आशिल्ले. लागींच उबे राविल्ल्या

कुप्पण्णय्यंगारान व्हडल्या गौडाक म्हणलें, 'हेर गांवांनी म्हारांक-मांगांक देवळांत वचूंक दितात खंय.'

'आमच्या गांवांत तशें कोणेय केलें जाल्यार मुसळूच हातांत घेवया.' गौडान गंभिरतायेन म्हणलें.

'सरकारूच ताका मजत करता जाल्यार आमी कितें करूंक शकतात? पुलिसांकूय घेवन येतात खंय.' फाटलेवाटेन आशिल्ले गल्लींत रावपी अप्पण्णय्यंगारानी मदींच म्हणलें.

'सरकार कितें मळबांतल्यान देंवलां? ही लोकशाय आसा. पुलिसांक दांड्यानी बडोवन धाडया.' प्रतिज्ञा करपाच्या सुरान व्हडल्या गौडान म्हणलें.

भायर व्हडल्या आवाजांत चर्चा चलिल्ली आसतना गर्भकुडींत पुजा करतल्या पुरोयत वेंकटरमणय्याक अकस्मात याद जाली. काल रातीं घरा येतकूच रांदची कूड, घरांतलीं हातुणां- पांगरुणां ताणें आफुडिल्लीं इतलेंच न्हय तर देवघरांत लेगीत गेल्लो. सकाळीं उठटकूच पुण्याहवाचन करपाचोय ताका विसर पडिल्लो. आतां तेंच भश्टल्लें घरांतलें पूजेचें सामान आनी निवेद्य घेवन ताणें गर्भकुडींत प्रवेश केल्लो आनी मूर्तीची हात लावन पुजा केल्ली. आता कितें करपाचें? आतां मदींच कांयच करूंक मेळचेंना. फाल्यां देवळांत पुण्याहवाचन करून ह्या पातकांतल्यान मुक्त जावपाखातीर कसलेंय प्रायश्चित करचें पडटलें. अशें येवजून ताणें पुजा चालूच दवरली.

## 6

कितेंय जालें तरी म्हारांक-मांगांक देवळांत प्रवेश करपाक दिवचेनात अशें गांवातल्या लोकांनी थारायिल्लें. ह्या मुद्याचेर, केन्नाच एक नाशिल्ले स्मार्त, माध्व आनी वैष्णव ब्राह्मणाचेंय हाचेर एकमत जाल्लें. स्मार्त आनी वैष्णव हो भेद कुशीक दवरून श्रीवैष्णव, दास-गौड, सातानी, वैष्णव हांचेमदीं बणजिग, नोणब इतलेच न्हय तर लिंगायतूय तातूंत भरसले. टिपू सुलतानाच्या काळासावन हे तटबंदीचे भितर राबितो करून आशिल्लीं धा मुसलमानाचीं कुटुंबांय हेरांच्या 'धर्मसंकटांत' सामील जालीं. तटबंदीचे भायले वाटेन ल्हानशेंच चर्च उबारून राविल्लीं पंदरा किरिस्तांव कुटुंबां मात कोणाचीय बाजू घेनासतना हांचेकडेन आमचो कसलोच संबंद ना अशे भावनेन राविल्लीं. अशे परिस्थितींत आपणें कितें करप हे विशीं तांचे गुरु धर्मोपदेश करताले.

हें कितें सामकें सादें देवालय नाशिल्लें. स्वता जकणाचारीन बांदिल्लें हें देवूळ. 'तें देवूळ दोंगराचेर ना हें सोडलें जाल्यार खंयचेय गजालींत तें तिरुपतीपरस कमी ना.' अशें हेरानीं म्हणलें तरीकूय 'हें देवूळ स्मार्त पुरोयताच्या हातांत नाशिल्लें जाल्यार तिरुपती देवा इतलेंच म्हान आसतलें आशिल्लें असो श्रीवैष्णवांचो विचार. 'रामानुजाचार्यांनी वर्सांतल्यान एकफावटी म्हारां-मांगांक देवळांत वचूंक दिलें न्हय? आमच्या हातांत येतसावन आयजवेर आमी हाचें पावित्र्य सांबाळून दवरलां.' अशें स्मार्तांचें सांगप. 'पयलीं शिवालय आशिल्ल्या ह्या देवळाचें विष्णुमंदिरांत रुपांतर जालें तरी देवळाचे भायले वणटीर आशिल्ले शंकरपार्वतीचे मूर्तीक पुरोयत वेंकटरमणय्या मंगळाआरत दाखयतात म्हूण देवळाचें पावित्र्य राखप आनी ताची राखण करप ही आमची जापसालदारकी आसा अशे लिंगायतांचे विचार.

तशें पळोवंक गेल्यार देवळांत प्रवेश करपाक गांवचे म्हार-मांग केन्नाच मुखार सरले नात. तातुंतल्या कांय जाणांक व्हडल्या धनयाच्या शेतांत काम, कश्ट करून दनपारचें जेवण मेळोवपाचें इतलेंच तांच्या नशिबांत आशिल्लें. सरकारान तांकां जमनी दिल्ल्यो. त्या जमनींचेर पीक काडपाखातीर रीणूय दिल्लें. पूण तो पयसो सोरो पिवपांत उडयताले. बेट्टय्यासारकेलीं लागवड करून पीक काडपी फकत दोन-तीन घरां थंय आशिल्लीं. देवळांत म्हारां-मांगांकूय प्रवेश दिवंक जाय असो सरकाराचोच हुकूम आशिल्लो आनी तशी कारवाय लेगीत केल्ली. तिवूय सरकारी मुखेल्याच्या सामकारूच. देशांतल्या फामाद देवळांत हरिजन प्रवेश मेळयिल्ल्याच्यो खबरो आत्र्या-पयऱ्यान पेपरांत छापून येताल्यो. हेर गांवांनी कितें जावपाचें आसा तें जावं दी. आमच्या गांवांत मात तें घडूंक दिवंक जायना, अशें तिरुमलापूरातल्या नागरिकांनी थारायिल्लें.

पूण तिरुमलापूराच्या देवळांत हरिजन-प्रवेशाखातीर सरकाराकडल्यान चेपण आयलेंना. पुलीस इन्स्पेक्टराकडल्यान जावं डेप्युटी कमिशनराकडल्यान लेगीत आयलें ना. गांवातले आमदार आदोगाद मेलगिरीगौडा हाणेंच हो विचार मुखार व्हेलो. म्हणल्यार गांवचे मुखेली तिरुमलेगौडाच्या चल्यान चेपण हाडलें. तो असेम्बलीचो मेंबर आसा. 'सगळ्या गांवातल्या देवळांनी हरिजनांक प्रवेश दिला. तुमगेल्या गांवचें देवूळय खूब फामाद. तातूंत हरिजनांचो प्रवेश कित्याक जावचो न्हय?' अशें स्वता मुख्यमंत्र्यांनीच ताका विचारलें खंय. मुख्यमंत्र्यांक 'रोखडोच हरिजनांक प्रवेश मेळोवन दितां.' अशे उतर दिवन तो गांवांत आयिल्लो. तेन्ना व्हडल्या धन्यान 'आमच्या घराण्याचें नाक कापूंक जल्माक आयला.' म्हूण खूब आड्ड्यो मारल्यो. बापायक कितें जाप दिवपाची हें

मेलगिरीगौडाक समजलें ना. ताणें सांगपाचो येत्न केलो आनी शेवटाक 'गांधी आश्रमांत...' अशें म्हणपाक वतालो, इतल्यांत 'ताणें जात सोडल्या म्हूण तूंय सोडटलो?' अशें बापायन आंगार वचून विचारलें. ह्या विशयाचेर बापूय-पुताचें झगडें जातलें, पाळेगारांच्या घरांत वांटणी जातली, एम.एल.ए. मेलगिरीगौडा आपलो वांटो घेवन बेंगळूरांत वतले, अशेतरेन गांवातले लोक तोंडांत येता तें उलयताले. पूण तशें कांयच जालें ना.

मेलगिरीगौडान गावांतल्या धा मुखेल्यांक एकठांय आपोवन हाडले. भोंवतणच्या गांवांमदल्याय खूब मुखेल्यांकडेन ते उलयले. हांवें मुख्यमंत्र्याक उतर दिलां. हांवें उतर दिवंक नाशिल्लें जाल्यार ते पुलीस धाडटले आशिल्ले. दिल्लीच्यान मिल्ट्री येतली आशिल्ली. निमणें देवस्थान मिल्ट्रीच्या हातांत वतलें आशिल्लें. एकूच दीस ह्या म्हार आनी मांगांक देवळांत वचपाक दिल्यार कितें घात जातलो आशिल्लो? वयल्यान पुण्य मेळटलें. ताचेउपरांत तांकां काय देवळांत येवपाक दिवचे न्हय. गांवच्या मुखेल्यांमदल्या कांय जणानी काळ बदलत आसा हें मान्य केलें. तेच बराबर तिरुमलापूरांतल्या म्हार-मांगांक देवळांत प्रवेश दिवपाचें थारायलें.

पंदरा दीस जातकीच एका शेनवारा हो कार्यक्रम दवरलो. आमदार मेलगिरीगौडा वांगडा बेंगळूरच्यान कांय दिसाळ्यांतले बातमीदार आयिल्ले. हरिजनाचे प्रतिनिधी बेट्टय्यान सगळ्या म्हार-मांगांक निवळ-वेवस्थीत कपडे घालपाक लावन देवळांत घेवन येवपाची जापसालदारकी आपणायिल्ली. ही पापी घडणूक दोळ्यांनी पळोवंक जावची ना म्हूण गांवांतले जायते लोक घरांतूच बसून रावले. शाळेक सुटी दिवन भुरग्यांक, मास्तरांक थंय येवंक सांगलें. गांवांतले हरिजन कॉलनी भायर लागसारच्या हेर हरिजनांकूय आपयिल्ले. सगळे हरिजन फांतोडेर उठून सूर्य उदेतकूच रोखडेच आपआपले खोंपीतल्यान भायर सरले. देवळाचे कुशीक आशिल्ल्या तळ्यांचेर येवन फातरांनीं आंग घांसून ते सगळे लोक न्हाले.

बायलो-भुरगींलेगीत निवळ जालीं. बायलांनी-दादल्यांनी धवे बिबुतीचे कपलाचेर पटे ओडले. मेलगिरीगौडा खादीचो कोट, माथ्यार गांधी तोपी घालून बातमीदारांवांगडा आयलो, सगळ्या हरिजनांक देवळा मुखार उबे करून तातूंत मदेकांत उबे रावन आमदार आनी बेट्टय्यांचो फोटो काडलो. बातमीदारांनी फाटलेवटेन वचून तळ्याचो, बांदाचो, देवस्थानाच्या फाटल्या भागाचो फोटो काडलो. तांणी अशें थारायिल्लें. सगळ्यांत पयलीं मुखेल यजमान म्हूण मेलगिरीगौडा, हरिजनाचे फुडारी बेट्टय्यावांगडा देवळांत प्रवेश करतलो आनी

देवाचें दर्शन घेवन तीर्थ-प्रसाद घेतलो. ताचेउपरांत सगळे एकेक करून भितर वचून देवाचें दर्शन घेवन तीर्थ-प्रसाद घेतले.

देवळांत म्हार-मांगांक प्रवेश दिवपाक वेंकटरमणय्याची मान्यताय नाशिल्ली. वाड्यार वचून आपल्या एके काळच्या इश्टाक, मेलगिरीगौडाक मेळून हें अशें जावंक दिवंक जायना अशें सांगिल्लें. वयल्यान सांगिल्लें, 'करचें न्हय तें केलें जाल्यार गांवाचेर येवचें न्हय अशें संकट येतलें. तू कसोय तुमकूर-बेंगळूरांत रावता. हांगासर रावपी आमी आनी तुमगेल्या बापायक सगळ्यांकूच हें सोंसचें पडटलें.' असो वाद घाल्लो.

'मुख्यमंत्र्याकडल्यान आदेश आयला. ह्या तालुक्याचो आमदार म्हूण म्हाका मुखार धाडला. हांवें न्हयकार दिलो जाल्यार ते मिल्ट्री धाडटले, तुमी विरोध केल्यार तुमकांच पुरोयत पदावयल्यान काडून उडयतले. काळ बदल्ला आतां. कितें करपाचें सांगात?' अशें मेलगिरीगौडान म्हणटकीच वेंकटरमणय्याच्या तोंडातल्यान जापूच सुटली ना.

पुजा सोडून दिवपाचो विचार ताच्या मनांत आयलो. पूण वेंकटरमणय्या कांयच उलयलो ना. तेचबराबर देणगी रुपांत आयिल्ली देवाच्या उत्पन्नाची जमीन कशी सोडपाची हाचोय एकेवटेन मोह ताका आशिल्लो. मेलगिरीगौडाक मनांतल्या मनांत गाळी मारीत घरा परततना मुखावयल्या घरांतले कुप्पण्णय्यंगार मेळ्ळे आनी ताणें म्हणलें, 'हो मेलगिरीगौडा मुख्यमंत्र्याचें नांव सांगता खरें! पूण खरी गजाल विंगड आसा. आतां ह्या म्हारां-मांगांकूय मतदानाचो अधिकार दिला न्हय? फुडले वेंचणुकेंत तांचीं मतां मेळोवन आपणे वेंचणुकेंत वेंचून येवचें म्हूण तांच्यो हालचाली चलतात.'

पूण वेंकटरमणय्यान आनीक कांयच केलें ना. 'पाप-पुण्य तांचें तांकां! हांव कितलोय जाल्यार पुरोयत' अशें म्हणत तो त्या दिसा देवळांत हाजीर रावलो. सुरवेक मेलगिरीगौडा आनी बेट्टय्या जोडयेंत भितर आयले. देवाकडेन गेले. खूब फोटे काडले. त्या दोगांकूय प्रसाद दितासतना फोटे काडले. ताचेमागीर एकाफाटोफाट एक सगळ्या हरिजनांनी प्रवेश केलो. व्हडल्या आयदनांत दोन कळसुल्यो उदक दोन पेले दूद, गोडाची व्हडली धेंप तातूंत घालून केळीचो पुराय घड सोलून ताचे बारीक कुडके करून घाले. आनी थोडी तुळशीं पानां घालून पंचामृत तयार केलें. त्या दीसाचे पूजेचो खर्च मेलगिरीगौडानूच दिल्लो.

भितर आयिल्ल्या जणएकल्याक पळीभरून तीर्थ दीत वेंकटरमणय्या उबो राविल्लो. भितर येतल्या जणएकल्याच्या चेहऱ्याचेर विंगविंगड भावना येतात

त्यो दिश्टी पडटाल्यो. गर्भकुडीच्या दारामेरेन आमी गेले जाल्यार देव आमकां कितेंय करीत ह्या भंयान कांय जाण खांब्यामेरेन येवन थंयच्यान परतले. पंचामृत ल्हेंवून पुस्सून खायत कायंजाण 'बरें जालां' अशी रुच काडीत म्हणूंक लागले. वोळीन भितर येतना म्हार-मांगाचे वोळींत उबी आशिल्ली मातंगी वेंकटरमणय्यांचे नदरेक पडली. तिचे हांडीर अडेच-तीन वर्साचो चलो आशिल्लो. हळडुवे देगेची काळी साडी तिच्या आंगार आशिल्ली. आपले जातीच्या हेर बायलांवरी ती रावनाशिल्ली. तिणें आंगाचेर पोल्कूय घाल्लें. चल्याच्या आंगार मात कांयच नाशिल्लें. आपल्या पदरान तिणें ताचें आंग धापिल्लें. तिचे आनी चल्याचे माथ्यावयले केंस वोले आशिल्ले. पूण चल्याचो चेहरो मात तीन वर्सांचो वेंकटेश कसो दिसतालो तसोच तो दिसतालो. वेंकटरमणय्याच्या सगळ्या आंगाक घाम फुटलो. मातंगी सकयल मान घालून ल्हवू ल्हवू मुखार येताली. तिचेमुखार आनी फाटल्यान आशिल्ले हेर लोकांच्यो नदरो भोंवतणी आनी देवाकडेन आशिल्ल्यो. जाल्यार तिची नदर मात सकयल मान घालून जमनीचेरूच आशिल्ली. मशिनावरी वेंकटरमणय्या जण एकल्याच्या हातार तीर्थाची पळी वोतयतालो. तरीकूय ताची नदर मातंगी आनी तिचे हांडीर आशिल्ल्या चल्याचेरूच आशिल्ली. सगळे मुखार पावलां घालीत वताले. दाराकडेन उबो आशिल्लो मेलगिरीगौडा 'चलात बेगीन, मुखार वचात.' म्हूण ताकतीक करतालो. आठ-धा जाण जातकूच मातंगी ताच्यामुखार येवन उबी रावली. तिणें देवाकडेन नदरलेगीत वळयली काय कोण जाणा! ताचेकडेन तिणें नदर लेगीत व्हेली ना. मोन्यांनी तीर्थाखातीर हात मुखार करून उबी रावली. तेन्नाय ती सकयल मान घालून उबी आशिल्ली. ताचो तीर्थाची पळी घेतिल्लो हात थरथरपाक लागिल्लो. तिच्या हातार ताणें तीर्थ घालें. ती फाटल्या पांयान वचपाक लागली. तिचे फाटल्यान आशिल्ले बायलेन म्हणलें, 'भुरग्याक दिलेंना?' सुद्दीर येवन ताणें आनीक एक पळी तिच्या हातार वोतली. तिणें मुखार वतां वतां हातांतलें तीर्थ चल्याक पियलें आनी उरिल्लें तीर्थ आपूण पियेवन ती मुखार वचूंक लागली. ताचें लक्ष मात तिचेकडेनूच आशिल्लें. रोखडीच ती देवळांतल्यान भायर सरली.

मांग देवळाचे गर्भकुडीमेरेन आयिल्ल्यान देवळाचें पावित्र्य भश्टल्लें तेखातीर दुख्खांत बुडिल्लें ताचें मन आतां मातंगीच्या विचारांत बुडिल्लें. फकत तीच न्हय जाल्यार, तिचे हांडीर बसून दर्शन घेवन गेल्ल्या त्या चल्याचें चित्रूय ताच्या मनांत उरलें. वोळीन उबे रावन तीर्थ घेतल्यांकडेन ताचें लक्ष गेलें ना.

इकरा वरांमेरेन सगळ्या हरिजनांचो देवळांतलो प्रवेश सोंपलो. सगळे आटपतकीच बेट्टय्या आपल्या कॉलनीकडेन गेलो. हेर सगळेजाण दर्शन घेवन आपआपल्या कामाक गेले. बातमीदारांवांगडा मेलगिरीगौडा गांवात परतलो. रोकडीच धा मिणटांभितर बातमी गांवभर पातळ्ळी. गांवातली मुखेल मंडळी देवळाकडेन वचूंक भायर सरली. कांय जणांच्या हातांत धंया-दुदाचे तांबये आशिल्ले कायजाणांच्या हातांत फुलांचे कुरपणे आशिल्ले. हेरांच्या हातांतूय नाल्ल, केळीं, गोडाचे खडे आशिल्ले. व्हडले पटेल तिरुमलेगौडाच्या दोन नोकरांच्या हातांत गोमूत्राची वाटी आनी गायच्या शेणाचें पाटलें आशिल्लें. एक दुदान भरिल्ली पितळेची कळसुली आनी ताटभरून खडीसाकर इतलें सगळें घेवन ते देवळाकडेन वचपाक भायर सरले. मुखार कितें करपाचें हें वेंकटरमणय्याक खबर आशिल्लें. तांणी सगळ्यांनी कितें करपाचें तें पयलींच थारायिल्लें.

लागसार आशिल्ल्या कॅनलांत वचून न्हावन जानवीं बदल्लीं. सगले पंचगव्य पिले. स्मार्त, वैष्णव, श्रीवैष्णव, गंगडिकार, दासगौडा, बणजिग, नोणब, उप्पार, मग्ग, सातानि सगळे मुखार सरले आनी पटेलांचे देखरेखेखाला कॅनलांतलें शंबरानीं कळसुल्यो उदक हाडून तांणी देवळाच्या कळसावयल्यान, भायल्यो वणटी, खांब्यावयल्यान जमनीमेरेन धुवन काडल्यो. देवळांत येवन तीर्थ घेतिल्ल्यांतले कांयजाण शेतांत काम करताले. शेंकड्यानीं लोकांक देवळाचो कळस धुतात तें पळोवन अजाप दिसलें. पूण ही तकालस घेतात तें आमगेल्या स्पर्शानूच अपवित्र जाल्ल्या देवळाक पवित्र करपाखातीर हे कांय जाणांक कळ्ळेंचना. आनी कोणाक कळ्ळें तांकां तातूंत आपलो अपमान जालो अशेंय दिसलेंना.

वेंकटरमणय्यान पुण्याहवाचन करून आंब्याच्या पानांनीं देवळांत शुद्ध उदकान शितोडो घालून पुराय देवूळ शुद्ध केलें सगळ्यांनीं पंचगव्य घेतकूच देवाक पंचामृताचो अभिशेक केलो. देवाक निवेद्य दाखोवन मंगळारत करतकूच सगळे गांवांत परतले.

ताच्या दुसऱ्या दिसा सकाळीं धा वरांचेर बेंगळूरांतलें दिसाळें गांवांत आयलें. पांचव्या पानाचेर व्हडल्या अक्षरांत बातमी आशिल्ली, 'तिरुमलापूरांतल्या पुर्विल्ल्या देवळांत गांवचे मुखेल नागरीक आमदार मेलगिरीगौडा हांचे यजमानकेखाला हरिजन-प्रवेश'. वांगडा गर्भकुडीच्या दारांत मेलगिरीगौडा आनी हरिजनाचे मुखेली बेट्टय्या हांचो जोडयेन तीर्थ घेतासतना काडिल्लो फोटो छापून आयिल्लो. मेलगिरीगौडा हाचे यजमानकेखाला तालुको कसो आधुनिक जायत आसा हेविशीं देड कॉलमाचो लेखूय छापून आयिल्लो.

## 7

हे घडणुकेक आतां धा वर्सां जावन गेल्लीं. ह्या काळांत खूबतरेचे बदल जाल्ले. बेट्टय्याचो चलो मोहनदास बी.ए चे परिक्षेंत नापास जालो आनी ताणें तुमकूरांत जोत्याचें दुकान घालें. ताका बरी येणावळूय येताली. ताची धाकटी भयण हायस्कूलांत शिकताली. इंटरमेरेन शिकून वेंकटेशान शिक्षण सोडलें. आतां ताचें लग्न जावन ताका चलोय जालो. सत्या एम.ए मेरेन शिकलें आनी ताणें अशें केलें.

वेंकटरमणय्यान आपणे शिकिल्ली संस्कृत, मंत्र, वेदांत आपल्या दोगांय भुरग्यांक सारकेंच शिकयिल्लें. खरें म्हणल्यार सुरवेक ताणें सत्याक शिकयलेंच नाशिल्लें. वेंकटेशाक शिकयतनाच तें आपूणजावन स्वता शिकतालें. वेंकटेशाच्यो पाठांतराच्यो चुको तेंच सुदारतालें. ते पळोवन तो ताकाय शिकोवंक लागलो. पूण दोगांय भांवडाचे स्मरणशक्तींत खूब फरक जाणवतालो. वेंकटेश फकत पाठांतराच्या फाटल्यान लागतालो. सत्या मात त्या श्लोकांचो अर्थ विचारतालें. आनी ताचेर प्रस्नूय विचारतालें. वेंकटेश कॉलेजींतलें शिक्षण घेवंक तुमकूरांत गेल्लो. आनी सत्या निकतेंच हायस्कूलांत वतालें. तितले म्हणसर सत्याक 'पुरुष-सूक्त' सामकें तोंडपाठ जाल्लें. रातीं न्हिदपाक गेल्लेकडेन ताणें ताचो अर्थ विचारिल्लो. 'सहस्त्रशीर्षः सहस्त्राक्षः सह्स्त्रपात्' ह्या वर्णनाचो अर्थ सांगतकूच वेंकटरमण्णय्या चातुर्वर्ण्याचे निर्मणेविशीं सांगूंक लागलो.

'ब्राह्मणोऽस्य मुखमासीत् बाहू राजन्यः कृतः

ऊरू तदस्य यद्वैश्यः पद्भ्यां शूद्रो अजायत'

म्हणल्यार ब्राह्मण ह्या ब्रह्माच्या तोंडा पासून, क्षत्रिय बाहू पासून, वैश्य जांगेतल्यान, शूद्र पायांपासून जल्मले.' हें कळटकीच सत्यान विचारलें, 'तर मुसलमान आनी किरिस्तांव खंयच्च्यान जल्मले?'

ह्या प्रस्नाची जाप वेंकटरमणय्याक सट्‌करून येवजली ना. मुखार 'चातुर्वर्ण्यं मया सृष्टं' ह्या श्लोकाचो अर्थ सांगतनाय सत्यान होच दुबाव उक्तायलो. 'देवान ह्या चौगांकूय निर्मिले जाल्यार मुसलमान -किरिस्तांव हांची निर्मणी कोणे केली?'

हे प्रस्न जितले सहजतायेन सत्याच्या मनांत आयिल्ले, तितलेच सहजतायेन ताणें ताचो उच्चार केल्लो. देव-धर्म, पुजा असल्या उपचाराविशीं सत्यान केन्नाच अश्रद्धा दाखोवंक नाशिल्ली वो ताचीं फकाणांय करिनाशिल्लें. पूण मनांतल्यान भायर सरिल्लो दुबाव मात लिपयनासतना उलोवन दाखयतालें. फकत देव आनी

धर्मशास्त्राविशीं अशे घडटालें अशें न्हय. ताका रांदपाकूय ताणेंच शिकयिल्लें. तें शिकयतासतना ताणें सांगिल्लें, 'सार करतना चिंचेबगर लिंबाचो रोस पिळ्ळो जाल्यार सार खूब रूच्चीक जाता.' खऱ्यांनीच त्या दिसा सार पिवन उडवपाचो इतलो रुच्चीक जाल्लो. पूण सदांच लिंबू खंयच्यान हाडपाचो? सदांच चटणी वांटत बसची पडटा म्हूण एक दीस बाजारांतल्यान ताणें दोनशीं लिंबू लोणचें करपाखातीर हाडिल्ले. ताचेवांगडा ताणें मुळेय हाडिल्ले. त्या दिसा शाळेंत वतना सत्यान विचारलें, 'अप्पा, आयज मुळ्याच्या रोसाक चिंचेउदक घालिनासतना लिंबाचो रोस घालतां.'

'बाय, रोसाक वा सांबाराक कोण लिंबू पिळटात? सारांत वा रसमांत लिंबाचो रोस घालतात.'

'कितें जाता घालो जाल्यार?'

प्रत्येक गजालीविशीं 'कितें जाता' अशें तें जितले सहजतायेन विचारतालें तितलोच वेंकटरमणय्या अस्वस्थ जातालो आनी म्हणटालो, 'हाका आनी कसली पद्धत म्हणपाची? ज्या पदार्थाक जें वापरपाचें आसता तेच वापरलें जाल्यार रांदप रुच्चीक जाता.' अशें म्हणून आपली सुटका करून घेतालो. तो न्हावन देवळांत पूजेखातीर भायर सरलो. तो घरा परतलो तेन्ना सत्या कुलप घालून शाळेंत गेल्लें. ताचेकडेनूय एक चावी आशिल्ली. ताणें कुलप काडलें आनी भितर गेलो. एक वराचेर जेवणाची घांट वाजतकीच ताट-पाट उदक घेवन अप्पा जेवपाची तयारी करून सत्याची वाट पळयत बसतालो. सत्या आयलें. हात-पांय धुले आनी जेवपाक बसलें. सत्याक वाडून ताणें आपल्याक वाडून घेतलें. रोस-शीत कालोवन ताणें एक उंडी तोंडात घाली आनी उमेदीत जावन म्हणलें, 'व्वा! सांबार कितलो बरो जाला म्हूण सांगू! कितें वांटून घालां सांबारांत?'

'कांयच ना.'

'फट सांगनाका. मुळ्याच्या सांबाराची रुच अशी आसना.'

'चिंचेबदला लिंबू पिळिल्लो हांवें -' सत्यान हांसत म्हणलें.

आतां ताका असल्यो खूब बारीक-सारीक घडणुको याद जाताल्यो. रीत-रिवाज सत आसा ताका लिपयतात अशें ताणें बेंगळूरांत म्हणिल्लें. हाचो अर्थ कितें? धा जाणां कशीं करतात. आमच्या आज्यान, पणज्यान अशें केल्लें, तेखातीर हेंच खरें. हाचेपरस विंगड कितेंय करूंक सोदता तें पातक, हाचेर आमचो विस्वास बसता आनी वाडटा. हाचेर ताका नव्यान विचार करपाची गरज नाशिल्ली. म्हैसूरांत शिकतना तें प्रत्येक सुटयेक गांवात येतालें. त्यावेळार

घरांतलें रांदपाचें सगळें तेंच पळयतालें. अप्पाक वा वेंकटेशाक तें केन्नाच रांदचे कुडींत येवपाक दिनाशिल्लें. मागीर तेच मुजरत सत्याच्या अभ्यासाची चवकशी करताले.

एकफावटी सत्या सांगतालें, 'भगवत्गीतेंत ज्ञान-योग, भक्तियोग, कर्मयोगाचो समन्वय जाणवता ताचें फाटलें कारण विंगड आसा.'

'तें कितें बाय?'

'त्यावेळार कश्टांची कामां करपी शूद्र 'आमचें काम कमी दर्जाचें, तुमचें काम उंच दर्जाचें. आमी हें काम करचेनात, शेतांत कश्ट करचे नात.' अशें म्हणटाले खंय. ताचेर 'तुमगेलें काम केलें जाल्यार लेगीत मुक्ती मेळटा, खंयचेंय काम कमी दर्जाचें आनी उंच दर्जाचें नासता. पिळग्यान पिळग्यांचो वेवसाय सोडूं नाकात - 'स्वधर्मे निधनं श्रेयः परधर्मो भयावहः' अशें तांकां सांगिल्लें खंय.'

'पूण हें भगवत्गीतेंत खंयच सांगलें ना.'

'तातूंत खंयच अशें बरयिल्लें ना. पूण आयचे विद्वान विचार करतात, समाजांतल्या खंयच्या कारणावयल्यान त्यावेळार तांणी अशें बरयिल्लें आसतलें? असो विचार करूनच इतिहास बरोवपाचो आसता, न्हय?'

एक दीस सत्यान म्हणलें, 'पुरुष-सूक्तांत ब्रह्माच्या तोंडांतल्यान ब्राह्मण जल्मलो, हातांतल्यान क्षत्रिय जल्मलो अशें दिलां तें त्या काळातलें समाज रचणुकेचें रुपक आसा.'

आतां वेंकटरमणय्याक तागेलीं प्रत्येक उतरां सारकीं याद जातालीं. तेदेवेळार सत्याचें उलोवणें मान्य करूंक ताचें अंतर्मन तयार नासतालें. पूण मन मात उचांबळ जातालें. इंग्लिशींतल्यान कितेंय वाचूं दी वा बरोवं दी. चली भुरगें जावन खूब मार्क ताणें मेळयिल्ले. हायस्कुलांतले मास्तर घराकडेन सांगूंक आयिल्ले म्हूण मुखार शिकयलें. सुटयेंत घराकडेन आयलें जाल्यार कितेंय जाल्यार सांगतालें, आयकुपाक बरें दिसतालें. पूण ताचेरूच विस्वास दवरलो जाल्यार जग कशें उरतलें? अशें म्हणून तो ओगी रावतालो.

फाटल्या धा वर्सांत तांकां मातंगीचो लागीं लागीं विसरूच पडिल्लो. मातंगीचो चलो तुमकूरांत तांचे जातींतल्या भुरग्यांखातीर आशिल्ल्या हॉस्टेलांत रावतालो. चलोय वेवस्थीत शिकतालो खंय. तिचे अधिकाराची चार एकर जमीन आशिल्ली तातुंतली दोन एकर शेताखातीर दवरून उरिल्ल्या जाग्यार तिणें सुमार अयशीं कवाथे लायिल्ले. आतां ताका नाल्लूय लागिल्ले. तिगेलें मंगळूरी नळ्याचें तीन मजली स्वताचें घर आशिल्लें. आतां ती ह्या भागांत लोकांच्या

शेतांत काम करूंक येनाशिल्ली. आपलेच जमनीचें काम करताली. तेखातीर फाटल्या कितल्यातरी वर्सांत तिचें दर्शनूच घडूंक नाशिल्लें. जिवितांत अशें घडत आसता. कामवासना जागृत जावकूच खंयची जात आनी खंयची पात! ऋषी-मुनींनय लेगीत अशें केलां. मागीर तप करून तांणी जगांत प्रसिद्धी मेळोवन नामना जोडल्या. हें सगळें येवजून ताणें हे घडणुकेचो विसर घालून घेतलो. ही घडणूक केन्नाय स्मृतीपटलाचेर अस्पश्ट दिसताली पूण ताची खरसाण आता पयलींभाशेन नाशिल्ली.

पूण आतांचे सत्याचे वागणुकेन ती घडणूक परती तांकां त्रास दिवंक लागिल्ली. परगांवच्या लोकांक मातंगी आनी सत्या आवय-धूव दिशिल्ल्यो खंय. 'अंतर्मन खरें कितें तें सांगता, रुढी-रिती अंतर्मनाच्या आवाजांक चिड्डून उडोवंक सोदता.' हें येवजून अकस्मात ताका राग आयलो. व्हाणानीं बडोवचेंशें दिसलें. कोणाक, कित्याक हें मात ताच्या लक्षांत आयलें ना. अकस्मात हो राग कित्याक आयलो? बेंगळूरांत वचून सत्याक व्हाणानीं मारलें. तेन्ना मार खातकूच लेगीक ताणें हेंच सांगिल्लें. बेंगळूरातल्यान येवन पंदरा दीस जाले तरी ताचो सत्यावयलो राग वचूंक नाशिल्लो. तातूंत मातंगीचीय याद मनाक त्रास दिताली. 'इतल्या वर्सांनी ते चेडयेची याद कित्याखातीर?' अशें येवजून विसरून वचपाचो येत्न करतालो. ह्या येत्नांत चलयेवयलो राग आनीकूय वाडटालो. मातंगीविशीं पयलीं मनांत आयिल्ले भाव परत जागृत जाताले. ते यादींत देहभान विसरून मनांतलो चलयेवयलो राग मात्सो कमी जातालो. यादी पयसावतकूच रोखडोच राग परतो किल्लून येतालो.

गांवभर तांचे चलयेच्या आनी तिरुमलेशाच्या लग्नाची बातमी पातळ्ळी. लोक कुचूकुचू करून उलयताले. कोण कितें म्हणटालो हाची ताका कल्पना आशिल्ली. आपलो वंश, घर आनी जातीची इतली विटंबणा जाल्ल्यान तो सामको अपमानीत जाल्लो. ताणें उलोवपाचेंच बंद केल्लें. भाटांत वचपूय ताणें सोडून दिल्लें. आपल्याच विचारांत गुल्ल जावन घरांत रावतालो. घरांत आपल्या नातवाकडेन तो वळून पळय लेगीत नाशिल्लो. सकाळी न्हावन देवळांत वचून पुजा मात करतालो.

एक दीस सकाळीं तो पुजा करपाखातीर देवळांत गेल्लो. गर्भकुडींत उबो रावन मंत्र म्हणत देवाच्या पांयार एकाचेर एक फुलां घालीत आशिल्लो. कोण तरी दोगजाण आयिल्लेवरी ताका दिसले. तेवटेन लक्ष दिनासतना तो फुलां घालीत रावलो. आनी आपणे हाडिल्लें केळें सोलून देवाक निवेद्य दाखयतना फाटल्यान कोणेतरी म्हणलें, 'आमगेल्या फळां-फुलांचो निवेद्य दाखयात'-

आवाज एके बायलेचो आशिल्लो. ताणें फाटल्यान वळून पळयलें. ती मेलगिरीची बायल रंगम्मा आनी वांगडा तागेलो चलो तिरुमलेशगौडाय आशिल्लो. 'तुमी देवळा भितर येवंक जायना.' अशें म्हणचेशें दिसलें. पूण आपले नकळत ताणें फळां-फुलांचो निवेद्य दाखयलो. तांचेकडेन कांयच उलयनासतना ताणें दाव्या हातान घांट वाजयत आरत दाखोवपाक सुरवात केली. अकस्मात ताका याद जाली, फाटल्या धा-बारा वर्सांत आपणें देवाचो चेहरो पळयलो ना. निर्शेल्ले मनस्थितींत ताणें नदर वयर व्हेली आनी मूर्तीकडेन पळोवंक लागलो. नदरेंत भरपासारकें जरीची देग आशिल्लें पुडवें, चकचकपी भुजां, हड्ड्याचेर आशिल्ले तीन हार, काळ्या चेहऱ्याच्या दोळ्यांचेर लिकलिकपी रुप्याची पट्टी, कपलाचेर उठून दिसपी उबें नाम, तसोच उठून दिसपी तांबड्या, धव्या, हळदुव्या, पाचव्या-निळ्या रंगाच्या मण्यांचो चकचकपी मुकूट. देवाच्या चेहऱ्याकडेन आयिल्ली आरत थंयच थांबली. ताची नदर देवाचे चेहऱ्याचेर थिरावली. घांट मात थांबनासतना एकाच तालार वाजताली. असो कितलो वेळ गेलो म्हूण कोण जाणा. आपसूकच ताचे दोळे धांपले. कांय खीण तकलेंत कितेंतरी पेटिल्लेवरी जालें. दुसऱ्याच खिणांत माथें शांत जालें. अचकीत ताच्या मनाक दिसलें हो फातोर. फकत काळो फातोर. हाची पुजा करून कांयच अर्थ ना. संवयेप्रमाण आरत दाखोवन, भायल्या देवां भोंवतणी आनी भितरल्या खांब्याक उंवाळून जातकूच ताणें आरत रंगम्माचे मुखार धरली. तिणें तीर्थ घेतलें आनी आग्रो करून चल्याकूय दिवपाक लायलें. त्यो थंयच उब्यो राविल्ल्यो. तिका कितेंतरी उलोवंक जाय अशें ताका दिसलें. पूण तो थंय वळ्ळो नात. दोनूय वटेन पेटिल्ल्या दीपस्तंभाच्या उजवाडांत मूर्तीचो चेहरो पळयत तसोच एकाच जाग्यार उबो रावलो. उलोवपाची मुरवत दिसून आनी ताची एकाग्रता भंग करची न्हय म्हूण रंगम्मा पांच मिणटां उबी रावन भायर सरली. तांगेली वचपाची सुलूस तिच्या वेड्याच्या आवाजावयल्यान लागली. तेन्नालेगीत वेंकटरमणय्या मूर्तीचो चेहरो पळयत उबो राविल्लो.



# सात

## 1

म्हैसूरांत श्रीनिवास एका रुमांत रावतालो. तो आपलो रूम सोडून खंयच भायर वचनासलो. आपूण हांगा आयला हाची खबर ताणें खंयच्याच इश्टाक कळूंक दिली ना. लागसार गल्लींत एक हॉटेल आशिल्लें. थंय मनाक मारल्यार इल्लेंशें कितेंय खावन येतालो. हेरशीं रुमाचीं जनेलां-दारां बंद करून पडून रावतालो. विचार करून करून तकली दुखपाक लागतकूच सिगारेटचीं पाकिटाचेर पाकिटां सोंपयतालो. म्हज्या जिविताचें हें कितें जालें? आपलेपरस वयले जातींतल्या सत्याचेर मोग केलो हेंच म्हजें चुकलें काय? पूण सत्या तर सदांच म्हणटालें, 'ही वयली जात आनी सकयली जात ही भावना म्हणल्यार आमगेलें मूर्खपण.' केन्नाय ताका आवयचोय खूब राग येतालो. ही आवय पयलींच कित्याक मरून गेली ना? 'ब्राह्मणाचे चलयेकडेन लग्न केलें जाल्यार हांव आत्महत्या करतलीं.' अशी धमकी दिवपी ही व्यक्तीच नाशिल्ली जाल्यार आतांच सत्याकडेन धांवन वचून ताचेकडेन लग्न जातलों आशिल्लों. मागीर आवयच्या मरणाचो विचार करप म्हणल्यार पातक आशिल्ल्याची भावना मनांत येतकूच तो आपल्याकूच दोश दितालो.

तो हांगा आयिल्लो तेन्ना बापायन ताचेकडेन तिनशीं रुपया दिल्ले. विशेक दिसानीं ताणें आनीक दोनशीं रुपया धाडले. वेवस्थीत अभ्यास करून बी.एल् परिक्षा पास जावन घराण्याचें नांव राखपाची सुचोवणीय ताणें केल्ली.

असल्या एकटेपणाचो म्हयन्याभरांत ताका बेजार आयलो. वेळ वचना म्हूण एक दीस तो उठलो आनी हिंदी सिनेमा पळोवपाक वचून बसलो. गाणीं, नाच, काश्मिरांतलीं दोळ्यांत भरपी दृश्यां आशिल्ल्यान हिंदी सिनेमान ताचीं अडेच वरां पासार केलीं. दुसऱ्याय दिसा तोच सिनेमा पळयलो. सत्यावांगडा आसतना तो चडकरून सिनेमाक वचनाशिल्लो. सिनेमाक वचुंया म्हणल्यार सत्याचो न्हयकार पयलींच आसतालो. चुकून केन्नाय सिनेमा पळयलो जाल्यार अशें केन्ना आयुश्यांत घडटा? ही गजाल खरी आसा व्हय? असले प्रस्न विचारून प्रत्येक चित्रपटाची टिका करतालें. तें नासतना एकट्यान वचून सिनेमा

पळोवपाचो? बेजारून ताणेंय सिनेमा पळोवपाचो सोडून दिल्लो. आतां सिनेमा पळयतासतना मात ताका दिसलें, प्रत्येक गजालींतल्यो चुको काडून तें जिवितांतली उमेद तर वगडायना न्हय? इतलीं सुंदर दृश्यां, इतलीं बरीं गाणीं आनी नाचांची टिका करता तें. सिनेमा पळोवन घराकडेन येतकूच परतें एकसुरेंपण. ताचेपासत सुटका करून घेवपाखातीर तो परतो परतो विंगडविंगड थिएटरांनी वचपाक लागलो, हिंदी, तामिळ, तेलुगु, इंग्लीश, आदींमदीं कन्नड सिनेमा पळोवपांत सामको गुल्ल जावपाचो येत्न करतालो.

कितलेय सिनेमा पळयले तरीकूय ताका सत्याची याद जालेबगर रावनाशिल्ली. माया, मोग, प्रणयांनी भरिल्ले सिनेमा पळयतना सत्याची याद येताली. तेचबाराबर तें कितलें अरसिक आसा, अशेंय दिसतालें. न्हंयचे देगेर, दोंगराचेर, भौशीक बागेंत भोंवतना नायकान दावो हात धरलो जाल्यार नायिका उजवो हात ओडटा. मोगान मात्शे दोळे धांपून नायकाच्या हड्ड्याचेर माथें दवरता. पूण हें सत्यान एकफावट लेगीत तशें केलें ना. दोगांय वृंदावनांत गेल्यार लेगीत तशेंच करतालें. आपूण ताचो हात धरपाक गेल्यार ‘कोणूय पळयल्यार कितें म्हणटलो?’ म्हणत आपलो हात हातांतल्यान काडून घेतालें आनी बरोबर चलतालें.

असल्या विचारासरशीं ताका सत्याचो राग येतालो. कांय खिणांत तो राग नाच्च जातालो आनी ताका दिसतालें आवय मेल्ली जाल्यार सगळ्यो आडमेळी येतात त्यो नाजातल्यो आशिल्ल्यो. ताचेफाटल्यान पाप-पुण्याचो विचार मनांत जागृत जातालो. गांवातल्या पुरातन देवळांत देवामुखार आरतेच्यावेळार मनांत निर्माण जाल्ली भावना याद जाताली. जाती-जमाती सत्या सांगता तेप्रमाण एकाद्र्यो फटूय आसूंक शकतात. जणएकल्याक जाय तो वेवसाय वेचपाचें स्वातंत्र्य आसपाक जाय. पूण लग्नाच्या संबंदांत मात असो भेद आसपाक शकता. नाशिल्लो जाल्यार देवामुखार उबो रावतकूच आपल्याक अशें कित्याक दिसलां आसतलें? वेदांत सांगलां - ब्राह्मण देवाच्या तोंडातल्यान, क्षत्रिय हातांतल्यान, वैश्य मांडयेतल्यान आनी शूद्र पायांपसून जल्मल्ले. म्हूण हातुंतल्यान जाती तयार जाल्यो. अशें ज्युनियर बी.ए च्या इतिहासाच्या प्रोफेसरानूय सांगिल्लें. पूण हीं सगळीं फकाणां म्हूण सत्यान वाद घाल्लो. त्यावेळार सत्याची बाजू आपल्याकूय मानवल्ली.

पूण त्यादिसा देवामुखार उबो रावतकूच कित्याक अशें दिसलें? फकत दिसलें ना, आंग सामकें घामेल्लें. आंग सगळें कडकडपाक लागिल्लें आनी माथें गरगरतालें.

देवळांत वचून येतकूच दुसऱ्या दिसा तो घरांतल्या पोरसांत सकाळचें वत खायत बशिल्लो. सत्तीगा तांगेल्या घरांतलो गडी. तणाचे राशीकडेन आयलो. तो मातंग समाजांतलो आसलो तरी खूब हुशार आशिल्लो. मारम्माचे जात्रेंत मारम्माची पदां तोच गायतालो. ताणें म्हऱ्यांत येवन एक दीस सांगिल्लें, 'आवयचें आयकयात धनी! ब्राह्मणाची चली केन्नाय मारम्माच आसता.'

म्हणल्यार म्हज्या आनी सत्याच्या लग्नाची गजाल हाकाय खबर आसा तर! खबर नासूंक कितें जालां? पयरसावन घरांत ह्याच विशयाचेर आरत्यो परत्यो चर्चा चल्ल्यात. ब्राह्मणाची चली मारम्मा जाल्ल्याची खबर ताकाय खबर आशिल्ली. प्रत्येक गांवांत एक देवूळ आसताच. थंयचे जात्रेंत ही मारम्माची कथा सांगतात.

पयलींच्या काळांत ब्राह्मणाभाशेन दिसपी एक गोरोच मांगाचो भुरगो आशिल्लो खंय. पोट भरपाखातीर तो गांव सोडून गेलो. रसूरिपट्टण नांवाच्या गांवांत एका ब्राह्मणाचीं गोरवां राखपाच्या निमतान तो रावलो. ब्राह्मण भुरग्यांक वेद-मंत्र शिकयतासतना कानार जें पडलें तें तो शिकलो. ताचें आचरणूय तांकां पळोवन आनी त्या घरांतल्या ल्हान भुरग्यांक विचारून ताणें आत्मसात केलें. मागीर ताणें तो गांवूय सोडलो. आनी पयस दुसऱ्या गांवांत गेलो. थंय ताणें स्वता परदेशांतलो ब्राह्मण आशिल्ल्याचें सांगलें. थंयच्या एका ब्राह्मणान ताका आपली चलीय दिली. त्याच गांवात विंगड बिराड करून हेर जातींच्या लोकांकडल्यान दान-धर्म घेवन तो सुखान रावपाक लागलो. सात-आठ भुरगींय जालीं. हेवटेन तागेली आवय चल्याक सोदीत सोदीत त्याच गांवात पावली. थंय चल्याची भेट जातकूच तिका खूब उमेद जाली. चल्याची मात पंचायत जाली. आवयक घराभायर काडपूय ताका शक्य जालें ना आनी घरांत दवरून घेवपाचें म्हणल्यार आपली खरी जात भायर सरत हाचो भंय. ताणें आवयक मोन्याचें सवंग घेवंक सांगलें. आवयन तें मान्य केलें. मागीर ताणें आपले बायलेक आवय जल्मासावन मोनी आसा अशें सांगून तिची वळख करून दिली. सुनेन अपुरबायेन मांयचेखातीर रांदप केलें. चल्यान आवयक न्हावन येवंक सांगलें. मांय लागसारच्या तळ्यांत वचून न्हाली आनी जेवपाक बसली. सुनेन केळी पानार वाडिल्लें ब्राह्मणी पक्वान्नांचे भरिल्लें पान पळोवन जाण्टेलेच्या तोंडाक उदक सुटलें. तातुंतलो एक जिनस पळोवन तर तिका दिसलें मुद्दाम सुनेन आपले खातीर म्हशीचे जीबेचो जिनस केला. तिका सुनेची खूब लकुबाय दिसली. त्यावेळार आपणें मोन्याचें संवंग घेतलां हाचो तिका

विसर पडलो. आनी तिणें सट्ट करून म्हणलें, ‘इतली सुंदर म्हशीची जीब केन्ना तुवें कापून हाडली?’

हें आयकून सूनेक कच्च जालें. तिच्या मनांत दुबाव आयलो. घोवान कितलेंय समजावन सांगल्यार लेगीत तिका पटलें ना. हो ब्राह्मण भेसांतलो मांग हें तिच्या लक्षांत आयलें. सकयले जातींतल्या दादल्यान आपल्याक भश्टीलें, आतां आपणें कसलें प्रायश्चित घेवपाचें? ती बापायक मेळूंक गेली तिणें विचारलें, ‘अप्पा, सुणें आफुडिल्ल्या मडक्यांचें कितें करपाचें?’

‘मडकें कुत्र्याच्याच गळ्यांत बांदपाचें वा ताचे भोवतणीं सुकिल्लें तण पातळावन ताका लासून उडोवपाचें. उजो खंयचेय अशुद्ध वस्तीक शुद्ध करता.’

ती आपले घराकडेन आयली. रातीं सगळीं न्हिदतकूच तिणें घराभोवतणीं सुकिल्लें तण पातळायलें. घराचेर तणाचो गठ्ठोच उडयलो. तणाक उजो लावन ती घरांत आयली आनी तिणें भितरल्यान दार बंद करून घेतलें. सगळो संवसार जळून गोबोर जालो. तीच ही मारम्मा. मांग समाजाची देवता. तिची फटवणूक केल्ल्या पातका निमतान रेड्याच्या रुपांत तिगेल्या घोवाक दर वर्सा बळी दितात. तिगेर हे फटवणुकेन जल्माक आयिल्लीं भुरगीं म्हणल्यार मेंढरां, बोकडे. तांकाय तिचेमुखार बळी दितात.

आतां सत्तिगान ही कथा परती सांगलीना. ही कथा गांवात ल्हानांक, पोरां-बाळांक सगळ्यांक खबर आशिल्ली. पूण फकत मुखार ताणें म्हणलें, ‘ब्राह्मणाची चली मारम्माच जाता. तिच्या नादान तुजें घर-दार ना जावन वतलें धनी!’ अशें म्हणून तो आपल्या कामांक गेलो.

थोड्या वेळान थंय वेंकटेश आयलो. ताणेंय श्रीनिवासाक चार समजुतीच्यो गजाली सांगल्यो आनी सत्याक गाळी मारल्यो. ‘तें एक चेडी तुमचें घर सुखांत दवरचें ना. आनी आमच्याय घराण्याचो नाश जातलो. राज्य करपी गौडाचें घराणें तुमचें. तकली जाग्यार दवरून काम करात.’

हे कथेविशीं श्रीनिवास केन्नाच सत्याकडेन उलयलो ना. ताचो केन्ना प्रस्नूच आयलो ना. उलयलो जाल्यार लेगीत तें कितें म्हणटलें हें तो बेसबरो जाणा आशिल्लो. पूण ही गजाल खरी काय फट? एकाद्री फटूय आसूंक शकता. पूण समजा ती खरी आसली जाल्यार? ताचें मन दुबावीत जालें. सगळे देव सारकेच. आमच्या घराण्याचो कुळदेव तिरुमल आनी श्रीनिवास वेगळे वेगळे न्हय. मारम्मा मांगाची देवता जाली तरीकूय गांवातले ब्राह्मण, गौड आनी हेर सगळे फळा-फुलांचो निवेद्य करतात. मारम्माची कथा लेगीत हेंच सांगता. श्रीनिवास देवामुखार उबो आशिल्लो तेन्ना होच विचार ताच्या मनांत उप्राशिल्लो. आवय,

आजो, काका, काकी, वेंकटेश, सत्तीग सगळे हेंच सांगतात. सत्याचो बापूय लेगीत हीच गजाल मनाक लावन घेवन अशक्त जायत आसा. कितें खरें आनी कितें फट?

तेचवेळार तागेली आवय रंगम्मा थंय आयली. 'कितें म्हज्या बाबा.' अशें म्हणत दोळे पदरान पुसून ताच्या म्हऱ्यांत बसली.

आतां श्रीनिवासाच्या मनांत वेगळो विचार येवंक लागलो. मारम्माचे कथेप्रमाण फट उलोवन त्या दादल्यान ब्राह्मण चलयेक फटयलें. पूण सत्याक म्हजी जात खबर आसा. म्हजी जात जाणून लेगीत तें म्हजेकडेन लग्न जावंक तयार आशिल्लें. शिवाय मांगाकडेन लग्न जावन ताणें स्वताच्या घरदाराक उजो लावन घेवपाक, हांव काय मांग न्हय. एका काळार राज्यकारभार पळोवपी पाळेगारांचो वंशज हांव. आयज म्हज्या हातांत अधिकार आसूं वा नासूं. हांव काय मांग न्हय हें मात खरें. पूण मनांत एक प्रस्न उप्रासलो, 'म्हज्या आनी मांगाभितर कसलो फरक आसा?' आमकांय शूद्र म्हणटात. आनी मांग? तेवूय शूद्र? अशें कशें जातलें? ताका याद जाली ते पंचम आसात म्हूण. तेखातीर हे कथेचो म्हजेकडेन कांयच संबंद ना. ह्या विचारांवांगडा ताका एके म्हणीची याद जाली. 'गोरे मांग आनी काळे ब्राह्मण हांचे जातीचेर केन्नाच विस्वास दवरचो न्हंय.' पूण सत्या काळें आसा, तागेलो बापूय लेगीत काळो. कॉलेजींत 'जातीयवादान केल्लो आमच्या देशाचो विनाश' ह्या विशयाचेर उलयतना सत्यान म्हणिल्लें, 'खंयचेय जातींत एक विशिश्ट असो चेहरो वा शुद्ध रगत मेळचें ना. फाटल्या हजारानीं वर्सांच्या इतिहासांत मूळ रगत खंयचे खंय भरसून गेलां.'

तशें जाल्यार हे कथेचो अर्थ कितें? असो तो विचार करतां करतां तकली सामकी हून जाताली. ओगी रुमांत बसून रावल्यार असलेच विचार मनांत येतात. असो विचार करून पॅन्ट आनी शर्ट घालून आनी पर्स घेवन तो एका थेटरांत वचून बसलो. असल्या वेळार हिंदी सिनेमाच बरो. काश्मीर, शिमलाच्यो वा दर्यादिगेचे फाटभुंयेवयलीं पदां-नाच... अडेच वरां सुशेगाद उमेदीन पासार जातात.

## 2

हाचेवयल्यान तीन म्हयने गेले. तागेलो बापूय म्हयन्याक दोनशीं रुपये धाडटालो. सप्लिमेंटरी परिक्षेचे पयशे भरिल्ले पूण अभ्यास मात सुरू करूंक नाशिल्लो. अभ्यास करपाची उमेदूय ताका उरूंक नाशिल्ली. आतां परिक्षा एका

सप्तकाचेर पाविल्ली. त्याचवेळार गांवांतल्यान एक पत्र आयलें. आज्यान पत्रांत बरयिल्लें, 'मंड्यांतले आमदार केंपण्णांची दुसरी चली कुमुदिनीची सोयरीक तुका आयल्या. कुळ, घराणें, समाजातलें स्थान सगळेवटेन चली पात्र आसा. तुज्या आवय-बापायन चली पळयल्या. खूब सुंदर आसा. रोखडीच ह्या पत्राक जाप दी. बेगीन चली पळोवन तुगेली आवड कळय. आनी लग्न जा. म्हजें आता जाण्टेपण. लग्न जावन आपल्या घराण्याच्या वंशाची वाल वाडोवपाचो तुजो धर्म.' अशें म्हणून ताका आशिर्वाद दिलो.

पत्र वाचतकूच ताणें ताची गुठली केली आनी कोनशाक मारली. हांवें थारायिल्लें लग्न तांणी मोडलें. आतां हे म्हणटले तशें हांवें नाचपाचें? आतां हांव लग्न जावचोच ना. तांकां हें पयलींच कळूंक जाय आशिल्लें. मूर्ख खंयचे! त्यादिसा श्रीनिवासाक सत्याची खूब याद आयली. तो कल्पना करूंक लागलो. आता ह्या खिणाक तें कितें करता आसतलें? कसलो विचार करता आसतलें? इतले दीस जावन गेले, ताका एकूय पत्र बरयलें ना हांवें. ताणेंय म्हज्या पत्राक जाप दिली ना. हांव बेंगळूरांत वचून मेळून आयल्यार कशें? हो विचार इतलो मनार घेतलो की दुसऱ्याच दिसा सकाळीं वचनशें दिसलें. रिझर्वेशन करपाखातीर भायर वचपाचें थारायलें आनी ताणें आंगार शर्ट चडयलो. बसस्टँडार वचसर मनांत आयलें, आतां ताका मेळून कितें करपाचें? सत्यान तूं असो कित्याक वागलो म्हूण विचारल्यार कितें सांगपाचें? देवामुखार उबो राविल्लो आसतना म्हाका अशें दिसलें म्हूण सांगल्यार ताका खरें दिसतलें? ना. म्हजी खंयचीच जाप सत्याचे बुदवंतकायेक समाधान दिवची ना. एकूच उपाय आसा, तो म्हणल्यार सकयल मान घालून आपली चूक मान्य करप. ते खातीर थंय कित्याक वचपाक जाय? चूक मान्य करून आयजूच चार इश्टांचे साक्षीन लग्न जावन पेपरांत जायरात घालया म्हूण सांगपाची तयारी आसल्यारूच थंय वचपाक अर्थ आसा. तें शक्य आसा व्हय?

गांवात गेल्लो तेन्ना आज्याकडेन जाल्लीं उलोवणीं, आवयची विनवणी, वेंकटेशाचो बुद्धीवाद, देवामुखार उबो राविल्लो आसतना जाल्लो भास, मांग सत्तीगाचें उलोवणें - परती सगळ्यांची याद जावंक लागली. रिझर्वेशनाच्या जनेलाकडेन अर्द वर उबो रावलो आनी रिझर्वेशन करनासतना मागीर थंयच्यान नीट सिनेमा पळोवपाक थेटरांत वचून बसलो. सांजवेळा स वरांचेर सिनेमा सुट्टकूच रूमार आयलो आनी ताणें आज्याक पत्र बरोवंक घेतलें - 'जें लग्न हांवें थारायिल्लें ताका तुमी सगळ्यानी न्हयकार दिलो. तुमचें आयकून हांवें वेंकटरमणय्याचे चलयेकडेन थारायिल्लें लग्न मोडलें. त्याचवेळार हांवें

कोणाकडेनूच लग्न जावचो ना म्हणपाचो सोपूत घेतला. तेखातीर तुमी कोणेंच म्हज्या लग्नाचें नांव घेवचें न्हय. म्हजो हो विचार तीर्थरुप अप्पाजींक लेगीत कळयात.'

पत्र पोस्टाच्या डब्यांत घालून येतकूच ताका मात्शें बरें दिसलें. दुसऱ्या दिसा ताच्या मनांत एक विचार आयलो. लग्नाविशीं अप्पाजीन बरोवंक जाय आशिल्लें. आज्यान कित्याक पत्र बरयिल्लें आसतलें? कें‌पण्णाचें नांव ताकाय खबर आसा. वेंचणुकेवेळार आपले जातींतल्या आमदारांची नांवां तांच्या घरांत खूब फावटीं घेवप जातालें. आज्याचे वळखीन ही चली सांगून येवप शक्यूच ना. 'शक्य ना.' अशें न्हय. निखालस तशी आयली ना. अश्यावेळार स्वता पत्र बरयनासतना अप्पाजीन आज्याक कित्याक पत्र बरोवंक सांगलें? हांव रागार जातलों म्हूण? आपल्याक अप्पाजी भियेतात हे कल्पनेन श्रीनिवासाक बरें दिसलें. रोखडोच दुसरो विचार ताच्या मनांत आयलो. लग्नाच्या आनी हेर शुभकार्यांत घरांतल्या जाणट्याचेंच नांव घालपाची पद्धत आसता न्हय! तेखातीर आज्याच्या नांवान पत्र बरोवंक लायलां आसुंये.

आठ दीस गेले. तागेलें मन आजो, अप्पाजी, आवय, वेंकटेश, तिरुमल, श्रीनिवास देव, ह्या सगळ्यांचेर तिडकतालें. जाणटेले म्हूण हांकां माथ्यार बसयल्यार हें जग केन्नाच मुखार सरचें ना. देव ही पिशेपणाची भावना जोमेरेन हे लोक सोडचेनात तोमेरेन एकमेकांकडेन आशिल्लो भेद कमी जावचोच ना. प्रत्येक धर्माखातीर विंगविंगड देव, प्रत्येक जातीखातीर विंगड देव!

एक दीस दनपारचीं साडेबारा वरां जाल्लीं. तरीकूय तो जेवपाक वचनासतना बाजयेर पडून सिगारेट फुसकायत आशिल्लो. कोणेतरी दारार मारलें. कोण म्हूण विचारल्यार कोणे तरी म्हणलें, 'हांव'. ताका हो आवाज वळखूंक आयलो ना. ताणें उठून दार उक्तें केलें. दारांत अप्पाजींचे सरकारी गाडयेचो ड्रायव्हर उबो आशिल्लो. 'सकयल आजो आनी आवय बसल्यांत.' इतलें सांगून तो सकयल गेलो. आतां अकस्मात कितें करपाचें असो विचार करचे आदींच ताची आवय आनी आजो माळयेर आयलीं. फाटोफाट ड्रायव्हरूय एक पाटलें, एक पिशवी आनी एक टिफीन कॅरियर घेवन भितर आयलो.

रुमाचीं जनेलां बंद आशिल्ल्यान रूम धुंवरान भरून गेल्लो. जमनीचेर सिगरेटीचीं ल्हान ल्हान पोंतेरां सकयल पडिल्लीं. पेटयिल्ल्यो फस्का काडयोय पडिल्ल्यो. दोरयेर म्हेळे कपडे लांबताले. बाजयेवयलें बॅडशीट आनी उशाचिरयेक घाणी मारताल्यो. आयजवेर ताच्या रुमार कोणूच येवंक नाशिल्लो. आवय आनी आज्यामुखार हो पसारो मांडिल्ल्यान ताका लज दिसली. ताणें

धुंवर भायर वचपाखातीर जनेलाचे दार उक्तें केलें. तातूंत आज्यान विचारलेंच ‘होच काय कितें तुजो परिक्षेचो अभ्यास?’ तशें म्हणटकूच तो बेगबेगीन सान्न घेवन निवळ करपाक लागलो. तें पळोवन आवयन म्हणलें, ‘चले सान्नीक हात लायतात? दी ती मल्लेश’ म्हूण आवयन सान्न काडून घेतली. धनीण सान्न मारतली म्हूण निमाणे ड्रायव्हर मुखार आयलो आनी रुमांतलो चिकोल एकठांय करून भायर घेवन गेलो. आजो मोटारीच्या सिटाचेर कृष्णाजीन घालून बशिल्लो. वयर रुमार येतना लेगीत ताची लोळी करूनच हाडिल्ली. बाजयेर घालून ते ताचेर पद्मासन घालून बसले. नळाचो जागो सोदून आवयन हात धुले आनी भितर येवन बसली. जमनीर बसून तिणें पाटलें आनी डबो उक्तो करपाक सुरवात केली. वालपापडी घालून शिजयिल्लो मसाले-भात, घट धंयाक फोण्ण मारून नाल्ला सोय घालून केल्लें शीत, चकली, पुरणाची पोळी, एक व्हडली बाटली भरून घरावें तूप सारकेले खूब जिनस ती घेवन आयिल्ली. दुसऱ्या पाटल्यांतल्यान हाडिल्लीं केळीं, पेरां, असलीं फळां तिणें बाजयेर बशिल्ल्या मांवांमुखार कृष्णाजिनाचेर दवरलीं. हात-पांय धुवन ‘गोविंदा-गोविंदा’ म्हणत ते आपल्या जाग्यार येवन बसले. एका सुपारेच्या पानाचेर आपलें जेवण घेवन ड्रायव्हर गाडयेंत वचून बसलो. दार धांपून रंगम्मान म्हणलें, ‘चल, मल्लेश जेवन घेवया.’

‘म्हाका कांयच नाका. कित्याक हाडलें हें सगळें?’

‘पळयलें, कसो उलयता तो!’ - अशें म्हणत पदरात आपलीं दुकां पुसलीं.

‘ये! जल्मदिल्ले आवयच्या दोळ्यांतल्यान दुकां आयल्यार सात जल्म वचचें ना हें पातक! बस आनी मोन्यांनी जेव. आवयचे हातांतलें जेवण म्हणल्यार अमृत आसता.’ अशें आज्यान म्हणलें.

तो मोन्यांनी उठून तिचे मुखार येवन बसलो. तिणें ताका जेवण वाडलें. कितलोय तरी तो आवयचो हात. खूब घरावें तूप आनी घरांत वांटिल्लो ताजो मसालो घालून शिजयिल्ल्या शिताचो घमघमाट सुटिल्लो. तीन म्हयन्यांपरस चड तेंप हॉटेलातलें जेवण जेवन बेजारिल्ले जिबेक ही रूच खूब आवडली. ताणें नाका म्हणलें तरी आग्रो करून तूप-पोळी वाडली आनी स्वता घांसभर शीत जेवन तिणें दोगायलीं पानां जनेलांतल्यान भायर उडयलीं. मांवान फळां खावन केळ्याच्यो, संत्र्याच्यो साली दवरिल्ल्यो तोय तिणें उमेदीन एकठांय करून जनेलांतल्यान भायर उडयल्यो.

दातांत अडकल्लीं संत्र्याचीं सुतां जिबेन काडीत आज्यान म्हणलें, ‘हं, कितें? लग्न कर म्हूण पत्र बरयलें जाल्यार रागान ताची जाप दिली.’

कांयच उलयनासतना तो सकयल मान घालून बसलो. आवयन म्हणलें, 'जाणटे गौडा विचारतात, कितें तरी जाप दी!'

'म्हाका लग्न जावपाचें ना.' - ताणें म्हणलें.

'ये माकोड खंयचो! लग्न म्हणल्यार कितें तुगेलो एकल्याचो प्रस्न न्हय. पाळेगारांचो वंश वाडपाक नाका? तुका ल्हान आसतना सांबळ्ळो आनी येदो ल्हानाचो व्हड केलो. आतां ही वाल हांगाच बंद जावची अशी तुजी इत्सा आसा व्हय? जल्म दिल्ले वालीक कितलें दुख्ख भोगता तें तुका खबर आसा?' मांवाची उतरां आयकून रंगम्माच्या दोळ्यांतल्यान दुकां गळूंक लागलीं. तिणें कशेयभशेन आपल्याक सावरून घेतलें. तें पळोवन आज्यान म्हणलें, 'बाब, जल्मदिल्ले आवयच्या दोळ्यांत दुकां हाडलीं जाल्यार तें पातक सात जल्मांत लेगीत फारीक करूंक जावचें ना. कसलें शिक्षण घेतलां तुवें!'

'ताका आनीक कित्याक सांगतात? हांवूच जीव दिवन मेकळी जातां.'

'सांग जीव दी म्हूण! आतांच, ह्याच पावलांनी परतीं वतात.' अशें व्हडले धनयान म्हणलें.

श्रीनिवास रागान भितरले भितर कडकडलो. पूण कितें उलोवप हें ताच्या लक्षांत येनाशिल्लें. ताका आज्याचो सभाव खबर आशिल्लो. पाळेगारांचें रगत ताचें! तोच नेट! आवय जीव दिता खंय! कितें करपाचें? जीव दी म्हूण सांगपाचें? पूण मातृहत्त्येचो दोश म्हणल्यार महापातक. आजो म्हणटा म्हूण न्हय. तें खऱ्यांनीच पातक. पूण तिणें तरी इतलो कित्याक हट धरपाक जाय?

तिणें मुखार म्हणलें, 'केंपण्णांचेच चलयेकडेन लग्न जावंक जाय अशें आमचें म्हणणें ना. खंयचीय चली पसंत केल्यार जाता. केंपण्णांचे चलयेक आमी सगळ्यांनी पळयल्या. सिनेमांतल्यो चलयो लेगीत इतल्यो सुंदर आसच्यो नात! गायच्या दुदाचो रंग आसा तिचो! वालीभाशेन नाजूक आसा. खंयचेय ब्राह्मणाचे चलयेपरस सुंदर आसा ती! तूं आतां फकत एकूच फावटी पळय तिका! आवडलीना जाल्यार दुसरी पळोवया. तुजेच पसंतीचे चलयेकडेनूच लग्न करपाचें अशें व्हडल्या गौडांनीय सांगलां, खरें कांय ना?' अशें तिणें मांवाकडेन वळून विचारलें.

'राजघराणें आसा हें! जी कन्या राजकन्येवरी दिसना तिका आमी हाडचे नात.'

'तूं केन्ना येता? चली पळोवपाक केन्ना वचुंया? आरे, ती हातांत वीणा घेवन इतलें सुंदर गाणें म्हणटा म्हूण सांगू! सिनेमांत लेगीत अशें आसचें ना! तू न्हयकार दिवंनाका मल्लेश -' तिणें दोळ्यांत दुकां हाडून म्हणलें.

'कशीय आसली तरी म्हाका लग्नूच जावपाचें ना!' मल्लेशान म्हणलें.

'मूर्खा' - आजो आड्डलो. 'मुखार दवरिल्लें माणिक न्हयकारता? एकफावटी पळय ते चलयेक, मागीर जायजाल्यार नाका म्हण. मागीर तूं आनी तुजें नशीब! हं! चल आतां बेंगळूराक!'

ताणें कितलोय विरोध केल्यार लेगीत तागेलें कांयच चल्लें ना. रुमाक कलयाद लावन व्हडल्या गौडान तागेलो हात धरलो आनी गाडयेंत व्हरून बसयलो. सांजवेळा ते बेंगळूरा पावले.

तेच सांजवेळा तागेल्या बापायन मंड्याक ट्रंककॉल केल्लो दिसता. दुसऱ्या दिसा सकाळीं णव वरांचेर केंप्पण्णा व्हडली नवी करकरीत शॉवर्ले गाडयेन थंय पावलो. अप्पाजी भितर येवन म्हणपाक लागले, 'ताचेमुखार असो लोल्याभशेन येवन बसनाका. सारकें खाड करून निवळ जावन यो.'

कांय वेळान मंत्र्याची गाडीय ते गाडयेवांगडा गेटींतल्यान भायर सरली. दोनूय गाडयो साडेबाराच्या सुमाराक मंड्याक पावल्यो. केंपण्णाच्या राजवाड्यावरी आशिल्ल्या बंगल्यामुखार वचून उब्यो रावल्यो. केंपण्णांच्या बंगल्याचो थाट व्हडलो. घरांत ब्राह्मण रांदपी हाडिल्ले. सोफा, रेफ्रीजरेटर सारकेल्या आधुनिक उपकरणांनी बंगलो वेवस्थीत मांडावळीन थाटिल्लो. तिरुमलापुरचे वाड्यार ह्यो गजाली नाशिल्ल्यो. कितलोय जालो तरी मंड्या म्हणल्यार जिल्लो. आनी केंपण्णा साकरे कारखान्याच्या मॅनेजींग बोर्डाचे वांगडी आशिल्ले.

जेवण जातकूच चली दाखोवपाचो कार्यक्रम जालो. माळेवयल्या व्हडल्या हॉलांत सोफाचेर श्रीनिवास, तागेले आवय-बापूय, आजो हांकां बसयिल्ले. मुखावयल्या एका दिवाणाचेर उंची कारपेट हांतुळिल्ली. ताचेर वीणा दवरिल्ली. भितरल्यान पड्डो कुशीक करून दोन चलयो थंय आयल्यो. तातुंतली व्हडली लग्नजावन दोगा भुरग्यांची आवय सोबसारकी आशिल्ली. धाकली कारपेटाचेर वीणे म्हऱ्यांत बसली. पयलींच सुरांत लायिल्ली वीणा आनीक सुरांत लावन तिणें वीणेच्यो तारो छेडल्यो. हातांत ताल धरून 'तुजेबगर दुसरो आनी ना कोण' हें पद म्हणूंक लागली. हाचे पयलींय हेंच पद रंगम्मान आयकल्ल्यान रंगम्मा उमेदीन श्रीनिवासाकडेन पळोवंक लागली.

बारीक शिडशिडीत, दुदाभाशेन गोरो रंग, मात्सो लांबट चेरो, दावेवाटेन मागो, मात्शे रुंद ओंट, कपलाचेर मोठोच कुकूम. श्रीनिवासामुखार नर्गिसची आकृती उबी रावली.

## 3

एका आठवड्यान केंपण्णा बेंगळूरांत आयले. ते काँग्रेसींत आशिल्ले पूण धवी तोपी घालिनासले. उठावदार कोट आनी आपल्या स्थानाक सोबसारको एक जरीचो फेटो गुठलायताले. आनी अशें करून तांच्या व्यक्तीमत्वाक सोबसारको हो तांचो भेस दिसतालो. लग्न कशें जावचें हेविशीं मंत्रीमहोदय आनी आमदार हांचेमदीं मात्शी चर्चा जाली. देण्याघेण्याची ही चर्चा नाशिल्ली. साकर कारखानदारांक गोडसाणेविशीं कितें विचारपाचें म्हूण मंत्र्यानी तो विशय काडलोच ना. तांची चर्चा तत्वाक अनुसरून आशिल्ली. ब्राह्मण पुरोयताक आपोवन शुभम्हूर्त काडपाचो मागीर 'शुभमंगल' करपाचें आनी दूद, उदकाची धार सोडून आपले पद्धतीन हेर विधी सोंपोवन घोव-बायलेन एकमेकांक उश्टें जेवोपाचें अशी तिरुमलापुरांतली पद्धत आशिल्ली. पूण ब्राह्मणाक आपयनासतना लग्न करपाचें अशी मंत्र्याची इत्सा आशिल्ली. मद्रासांत बी. एल्. शिकतना ताणें हें थारायिल्लें. हेंच ताणें आपल्या भागांतल्या रयताच्या मुखेल्याक सांगलें आनी आपले पद्धतीन लग्न करपाक तेंकोय दिल्लो. चार म्हयन्यापयलीं सोशलिस्ट पक्षाच्या बोरनिंगप्पाक हारयतना ताणें आपले रयतभावांक ब्राह्मण विधीचो त्याग करून बळगधारे पद्धतीन लग्न करपाचें अशें सांगिल्लें. आतां आपल्या चल्याचें लग्न ब्राह्मण पुरोयताचे उपस्थितींत आनी तांचे सुचवणेप्रमाण करप समा न्हय हें गणितूय ताका समजल्लें. पूण हो मुद्दो केंपण्णाचे मुखार सांगपासारकोय नाशिल्लो. ताणें म्हणलें, 'आमचे पद्धतीप्रमाण करूंया, बळगधारे विवाह.

'तुमचें मत सारकें. हजार सोयरे वा संबंधीनीं दुदाची धार सोडल्यारूच लग्न. दूद नासतना रयताचें लग्न कशें जातलें?' केंपण्णान म्हणलें. 'पूण आतांच्या आधुनीक काळांत आमी फाटीं उरले जाल्यार हे ब्राह्मण आमकां नांवां दवरतले. तेखातीर हांव तंजाऊरांतले बँडवाल्यांक आपयतां आनी म्हैसूरांतल्या पुरोयतांक आपोवन हाडून लावडस्पीकराचेर मंत्रोच्चार करपाक लायतां.

'मंत्र म्हणलेना जाल्यार कितें जातलें?'

'आरे, - तुमकां आमचे गांवाची म्हायती ना. आमच्या गांवात कितलेतरी आदवोगाद आसात. तांचें म्हणणे अशें - 'ही शेतकार (रयत) मंडळी कितलीय नाचली तरी आमची सर तांकां येना.' अशे म्हणटात खंय ते! आमच्या घरांतले ब्राह्मण रांदपी आसात न्हय? ते हाडटात असल्यो खबरो! हांव म्हणटा कित्याक

जावचें ना आमच्या घरांतलें कार्य तशें? तुमी पळयलां आसतलें, आमगेर ब्राह्मण रांदपी आसात ते जेवतातूय टेबलाचेरूच. आमचो देवारो पळयलो ना तुमीं! तोवूय सामको ब्राह्मणाभाशेनूच आसा.ना म्हणल्यार तांच्याय परस बरो. मंत्रांबगर लग्न केलें जाल्यार ते ओगी रावतले?'

'तुमचें बराबर आसा. पूण ताचेखातीर तांचे जातीच्या पुरोयतांक आपोवचें पडटलें, न्हय.'

'तुर्ताक कितें करपाक जाता? आमचे जातींतल्या लोकांनी शिक्षण घेवंचे पयलीं तांच्याच हातांत आशिल्लें न्हय सगळें? तो अधिकार आतां आमचेकडेन ना? तशेच पुरोयतूय आमीच तयार करूंक जाय. म्हैसूरांतले संस्कृत कॉलेजींत सगळे जातींतल्या भुरग्यांक प्रवेश दिवंक जाय अशी सरकारान ऑर्डर काडल्या खंय.'

'हांवेंच झगडून ती ऑर्डर काडपाक लायली. पूण जालां कितें, स्कॉलरशिप दितात, वेद, शास्त्र, मंत्र शिकूंक वचात म्हणल्यार लेगीत भुरगे थंय वचूंक तयार नात. आमी बी.ए. शिकतात तुमी 'गॅझेटेड ऑफिसराचें काम दियात.' अशे म्हूण सांगूंक येतात म्हजेकडेन. 'पूण हो धंदो आमी शिकचे नात.' म्हणटात.

'बरेंच जालें -' अशें म्हणत केंपण्णा आपल्यो मिश्यो नाचयत खो खो करून हांसले, 'निमाणे मंत्र म्हणप आनी घांट वाजोवप हें काम तांच्याच हातांत उरतलें आनी राज्य चलोवपाची जापसालदारकी आमच्या हातांत येतली.'

'शे, शे, कितें म्हणटात तुमी. तेय शाणे जाल्यात. आतां तांच्या जातींतले भुरग्यांकूय मंत्र-तंत्र नाका जाल्यात. हॉटेल, शेत-भाट, प्रिटींग प्रेस अशा कितल्या तरी धंद्यानी ते पावलां दवरुंक लागल्यात. म्हाका जाल्यार दिसता, आनीक वीस वर्सांनी मंत्र म्हणपी कोणूच मेळचे नात.'

'आमगेलें कल्चर, आमची संस्कृती तशीच उरुंक जाय. संस्कृत, वेद, मंत्र, शास्त्र हें नश्ट जावंक दिवंक जायना. हांव अशें म्हणूंक सोदतां, त्या संस्कृत शाळेंत शिकतल्या ब्राह्मण विद्यार्थ्यांक म्हयन्याशेवटाक पंदरा-वीस रुपये स्कॉलरशीप दिवंक लावपाक जाय.'

आनीकूय एका विशयाचेर तांची चर्चा सुरू जाली. लग्न चल्याच्या घरा जावपाचें काय चलयेच्या घरा? चल्यागेर लग्न करपाची पद्धत रयतांची आनी चलयेगेर लग्न करपाची पद्धत ब्राह्मणांची. मंत्र्यान आपल्या घराकडेन लग्न करपाचो आग्रो धरलो. पूण आपल्या घरा कन्यादान जावचें ही केंपण्णाची इत्सा. 'हो कितें फकत ब्राह्मणाच्या बापायचो पोटलो काय कितें? आमीय

सुशिक्षित आसात. आमीय अशें करूंक शकतात.' तोंडातली किंमती सिगारेट पेटोवन मंत्र्याचे सिगरेटीक जळटी काडी लावन ते म्हणूंक लागले.

धुंवर सोडीत मंत्र्यान म्हणलें, 'शिक्षण मेळटकीच लेगीत आमी तांचेच पद्धतीचें अनुकरण करतात. उदाहरण घेवपाचें जाल्यार वरदक्षिणा घेवपाची पद्धत, आतां आमगेल्या लोकांभितर लेगीत वाडीक लागल्या.'

ही आपल्याखातीर दिल्ली वैयक्तिक सुचोवणी हें केंपण्णाच्या रोखडेंच लक्षांत आयलें. ताणें म्हणलें, 'ताचेविशीं कांयच उलोवपाची गरज ना. म्हजे चलयेन फाटीं-फुडें 'म्हज्या बापायन म्हाका कांय दिलें ना.' अशें म्हणूंक जायना. तुमची अपेक्षा एकफावटी आमकां कळूंदी. गाडी, रेडियो, सूट, स्टीलाची आयदनां...'

'छे, छे, छे, छे, छे हांवें ताचेखातीर म्हणलें ना...' ताचें उलोवप मदींच थांबोवन मंत्र्यान म्हणलें. 'बऱ्या कुळांतली कन्या सोडली जाल्यार आमकां आनीक कांयच नाका. आमी दोगूय एकाच घरांतले जाल्ल्यान एकमेकांक आदार तर आसतलोच. चलयेच्या कुळारच्या पयशान मजा मारपाक आमी कितें दळदिरे ब्राह्मण? कितलेय जाले तरी आमी हे मातयेचीं भुरगीं - रयत. आमच्या हातांतल्यान जाता तितलें दुसऱ्यांक दिवप होच आमचो धर्म, घेवप न्हय. नजराणो दिवन चली हाडप ही आमची खरी पद्धत.'

'तो काळ आतां फाटीं पडलो. हो काळ आतां सालंकृत कन्यादान आनी वरोपचाराचो काळ.'

'ही पद्धत ब्राह्मणांची' अशें म्हणचेशें मंत्र्याच्या मनांत आयिल्लें. पूण तातूंत आपलें वेव्हारीक लुकसाण आसा हाची याद जातकूच तो ओगी रावलो.

## 4

आपले भयणीचें श्रीनिवासाकडेन जावपाचें लग्न मोडटलें आनी रोखडेंच श्रीनिवासाचें एकाद्रे गर्भश्रीमंत चलयेकडेन लग्न जातलें हेविशीं वेंकटेशाच्या मनांत मात लेगीत दुबाव नाशिल्लो. ह्या वाठारांतल्या कोणाचो सभाव कसलो, कोण केन्ना कसो वागतलो हें ताचें अंतर्मनान सांगिल्लेवरी ताका कळटालें. ह्या गौडा चल्याकडेन आपले भयणीचें लग्न जावचें न्हय म्हूण वेंकटेशान जाता तितले येत्न केल्ले. ह्या संबंदांत गांवातल्या ब्राह्मणांभितरली खंयची पोट-जात टिका करता, हाचोय ताका अदमास आशिल्लो. 'दिश्टी पडटा त्या जाग्यावयलें उदक पियेल्यार उदक पितले गायेची वाट लागतली. बैलाचें कितें वायट जाता?

ताका तर नवी गाय मेळ्ळी.' अशे रयत सुब्बारावान म्हणलें. मुखावयले कुप्पण्णय्यंगाराक खोशयेचे उमाळे फुट्टाले. ताणे आपले घरकान्नीक म्हणलें, 'ह्या स्मार्तांचे बरेंच नाक कापलें.' 'प्रच्छन्न बुद्धाक आनीक कितें जाय?' ह्या विचारान वेंकण्णाचार्याक भितरले भितर उमेद जातली.

तिरुमलेशाचें सत्याकडेन थारायिल्लें लग्न मोडिल्ल्यान वेंकटेशाचो तकलेवयलो भार कमी जाल्लो. पूण इतले बेगीन तिरुमलेशाचें लग्न थारलें हें आयकून ताका वायट दिसलें. हो आपलो आनी आपल्या घराण्याचो अपमान जाल्लेवरी ताका दिसलो. हें लग्न जातकूच सत्या आनी तो सदांखातीर पयसावतलीं अशें समाधान जालें, तरी एकेवाटेन आमकां लज केल्ल्याची भावना ताच्या मनांत आयली. आतां आपल्या घराण्याचो मान राखपाखातीर कितें करप शक्य आसा? तिरुमलेशाचें लग्न जावचे एक म्हयन्या आदीं कोणूय एम.ए., बी.ई., एम्.बी.बी.एस्, वा परदेशांत वचून आयिल्ल्या चल्यावांगडा सत्याचें लग्न करून दिवंक जाय. लग्नावेळार तुमकूरच्यान भाड्याच्यो जावं पूण, दोन गाड्यो हाडूंक जाय. बँड वाजोवन व्हडा दबाज्यान लग्न करपाक जाय. तेन्ना हे लोक ओगी रावतले. हेंच एम.ए मेरेन शिकलां. हाका इतलो शिकिल्लो भुरगो असोच मेळटलो. शारांत रावपी चले इतलें शिकिल्ले चलयेकडेन लग्न करूंक रोखडेच तयार जातात. मात्सो सोदचो पडटलो. सत्याक विचारुंक जाय. जावंदी पंदरा हजार खर्च. असो वेंकटेशाच्या मनांत विचार आयलो.

पूण हें सत्या लग्नाक तयार जातलें काय कोण जाणा? मूर्ख हेवटेनूय ना आनी तेवटेनूय ना अशें करून घेतलें. पूण आतां धमकावन मोन्यांनी लग्न जावपाक तयार जा म्हूण सांगपाक जाय. तुमकूरांत वचून वकील लिंगण्णय्यांक विचारल्यार खंयतरी चलो आसल्यार दाखयतले. पूण सत्याक तयार करुंक जाय न्हय? तेभायर अप्पाकूय म्हजो हो विचार सांगपाक जाय.

हालींसरा अप्पालेगीत विचित्र कसो वागता. पयलींभाशेन पूजाय व्हडा उमेदीन करना. कोणावांगडा उलयना. कितेंय विचारल्यार 'हय' वा 'ना' म्हणटा. नाजाल्यार 'तुका कशें बरें दिसता तशें कर.' अशी जाप दिता. आपलेभितरूच कितेंतरी उलयता अशें ताच्या चेहऱ्यावयल्यान दिसता. केन्नाकेन्ना ओंठूय हालतात ते दिश्टी पडटात. पूण ताका विचारप हें आपलें कर्तव्य म्हूण वेंकटेशान एकफावटी तांचेमुखार आपलो विचार मांडलो.

ताचें सगळें उलोवणें आयकतकीच वेंकटरमणय्या कांयच उलयलो ना. 'कितें तरी उलयात.' म्हूण आग्रो करतकूच ताणें म्हणलें, 'फाल्यां सांगता.'

दुसऱ्या दिसा वेंकटेशान परतो तोच विशय काडलो. तेन्ना 'म्हाका कांयच येवजना' अशें म्हूण मेकळो जालो.

आता आपणेंच वचून सत्याक विचारूंक जाय अशें म्हणून दुसऱ्या दिसा सकाळीं तो बशीन बेंगळूरांत गेलो. तें शिकयतालें ते कॉलेजींत वचून ऑफिसांत चवकशी केली तेन्ना, 'सत्यान कॉलेज सोडून तीन म्हयने जाले.' अशे कळ्ळें. 'कित्याक सोडली?' विचारलें तेन्ना कपलाचेर गंधाचे पटे आशिल्ल्या कारकूनान सांगलें, 'कॉलेजींतल्यान ताका काडलें.' 'कित्याक?' ह्या प्रश्नाक, 'तुमी ताचे कोण लागतात?' अशें त्या कारकूनान विचारलें.

'व्हडलो भाव.'

'शिस्तभंगाखातीर काडलें ताका.'

'आता तें खंय आसतलें?'

'खबर ना.'

'स्टाफरुमांत कोणाक खबर आसतलें?'

'तें हांगासर पंदरा-वीस दीस आशिल्लें तेन्ना कोणाकडेनूच उलयनाशिल्लें.' ताणें जाप दिली.

आपणें प्रत्यक्ष स्टाफरुमांत वचून चवकशी केली जाल्यार कोणाकडल्यान कितेंयतरी कळटलें. पूण ते सगळे म्हाका कितें म्हणटले? हाची ताका मुरवत दिसली. इंटराक नापास जाल्ल्यान तो कॉलेजींतल्या प्रोफेसरांमुखार वचपाक लजतालो. इतलें करून हें हट्टी चली आपलें आयकतलें हाची ताका खात्री नाशिल्ली. विचार करून तो सांजवेळा गांवांत परतलो.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं वेंकटेश हॉटेलांत बशिल्लो तेन्ना मंत्र्याची गाडी आयिल्ली दिसली. फाटल्या सिटाचेर मंत्री बशिल्लो. ताची घरकान्नूय आशिल्ली. फाटोफाट एका वरांत तांगेलो नोकर निरोप घेवन आयलो, 'मेलगिरीगौडान तुमकां आपयलां.' तो कितें विचारतलो आनी आपणे ताचेर कितें जाप दिवपाची हाचो विचार करीत तो गेलो. मंत्री माळयेवयले बैठकीचेर बशिल्लो. व्हडल्या गौडाचो पूजेचो वेळ आशिल्लो. मंत्र्यान सदचेवरी हांसत ताचें स्वागत केलें. ताका म्हऱ्यांत बसोवन म्हणलें, 'लग्न थारलां खबर आसा न्हय! आतां मुखार सरून सगळें जाग्यार उडोवपाची जापसालदारकी तुजी.'

'हांगा म्हजें कसलें काम? दिवाणाच्या घरचें कार्य म्हणल्यार स्वता डेप्युटी कमिशनर येतले माटवाच्या खांब्याचो फोंड खणपाक.' वेंकटेशान हांसत म्हणलें.

वेंकटेशाच्या ह्या उलोवण्यान मंत्र्याक उमेद जाली. तरीय ताणें म्हणलें, 'त्या काळांतली दिवाणगिरी आतां ना बाबा! आतां प्रजाप्रभुत्व आसा. आमी तुमच्या सारकिल्ल्याचे सेवक.' असो विनोद करीत मुखेल विशयाकडेन वळ्ळो. ताणें म्हणलें, 'लग्न शास्त्राप्रमाण जावचें अशें सोयरे म्हणटात. वर-पूजा, कन्यादान, विडो दिवप आनीक कितल्योतरी विधी म्हणिल्ल्यो...?' अशें म्हणून याद करपाक लागलो. मागीर ताका एक सिगरेट दिवन आनी आपणेंय एक घेवन ती पेटोवन फुस्कायली पूण मुखावयलें आनीक कांयच ताका याद जायना जाली. निमाणें ताणें म्हणलें, 'कसलें कसलें शास्त्र आसा तें आतां तूंच सांग.'

'सप्तपदी उरुटणें (न्हवऱ्या-व्हंकलेचें सत्कार गीत), अरुंधतीदर्शन, कितलींतरी आसतात. पूण तुमचे लोक आतां इतल्यो सगळ्यो विधी खंय करूंक बसतात? तुमी ह्यो सगळ्यो विधी करीत बसले जाल्यार तुमची रयत (शेतकार) मंडळी कशी ओगी रावतली? फुडले वेंचणुकेंत मतां दिवचे नात. तेपरस तुमचेच बळगधारे पद्धतीन व्हडा दबाज्यान लग्न करून उडयात.'

हे आयकून मंत्री गडबडलो. आपूण वेंचणुकेवेळार रयत भावांकडेन जें उलयल्लों तें ह्या धूर्ताक सगळें खबर आसा. वेंकटेशामुखार जावं आनीक खंयच्याय ब्राह्मणाचे उपस्थितीत ताणें असलीं उलोवणीं करूंक नाशिल्लीं. पूण आमच्या रयतामदींच एकचार ना. तेच वचून आपआपल्या गांवातल्या ब्राह्मणांक वचून सांगतात, मेलगिरीगौडान आपल्या भाशणांत अशें अशें सांगलां. रयतांभितर एकचार जालेबगर हे रयत सुदारचे नात. आपल्या मनांतली भावना चेहऱ्याचेर दाखयनासतना ताणें म्हणलें, 'खरें सांगूं? दोनूय पद्धती जाय हें म्हजें वैयक्तिक मत. जेमेरेन हजार गृहस्थ दूद दिवन दोगांकूय घोव-बायल जावपाची मान्यताय दिनात तेमेरेन लग्न कशें जातलें? बळगधारे लग्नाचो अर्थ म्हणल्यार जनतेची संमती. भौशीक मान्यताय. हाकाच प्रजाप्रभुत्व म्हणटात. पूण अध्यात्मिक नदरेन पळयलें जाल्यार मंत्र शास्त्र सगळें जाय. आमगेल्या नव्यान जावपी सोयऱ्याचें हेंच मत. तेवूय आमगेल्या बापाय भशेनूच आसात. शास्त्र, व्रत-कथा, ब्राह्मणांक खूब मान दितात. सगळ्याविशीं खूब आदर.'

'मागीर तशेंच करात. जसो राजा तशी प्रजा.'

'तुमी आमचे पुरोयत. तुमगेल्या बापायकूच मंड्यांत येवचें पडटलें.'

'जेन्नासावन हो मदीं बोवाळ जालो तेन्नासावन तांची बुद्धच जाग्यार ना. एक देवाची पूजा सोडली जाल्यार ते कांयच करनात. कोणाकडेनूय उलय नात.

आतां लग्नविधी करपाखातीर आपयले जाल्यार ते येवचे नात. ते तिडकतले. तांकां आपयलें नाजाल्यारूच शाणेपणाचें जातलें.'

मंत्र्यानी हाचेविशी विचारूच करूंक नाशिल्लो.

आतां ताका नवे खबरेची म्हायती मेळ्ळी. ताणें परतें विचारलें, 'जें घडपाक नाका आशिल्लें तें तुटलें. तें टाळपाक सगळ्यांक यश मेळ्ळें. आतां जें जाता तें करून दिवपाक कितें हरकत आसा?'

'तुटलें तें बरोबर आसा. पूण तांकां ह्या कामाखातीर घेवन वचप बरें जावचें ना. म्हाका तांचो सभाव बेस बरो खबर आसा.'

'तें आसूं. तूंच यो बाबा. मंत्र-गीत वाचपाक तूं काय बापायपरस कमी ना.'

'गौडाबाब, तुमकां खबर ना -' वेंकटेशान आत्मियतेन म्हणलें, 'मंड्याचे पुरोयत म्हणल्यार काय सादें कूळ न्हय. म्हैसूरांतले संस्कृत कॉलेजींत सुमार बारा वर्सां शिकल्यात ते. सोयऱ्यांवाटेन अशे विद्वान पुरोयत आसतना तुमचेवटेन हांवें येवप कशें बरें दिसतलें? पौरोहित्यांतलें शिक्षण म्हाका आसा पयलीं खंय? जें शिकलां ताचीच म्हाका प्रॅक्टीस ना. भरिल्ल्या माटवांत तुमचो अपमान जातलो.'

'तशें जाल्यार आतां तूं कितें करया म्हणटा?'

'बेंगळूरांत पुरोयत कितें कमी आसात? थंयचेच दोन शिकिल्ले पुरोयत घेवन वचात.'

'पूण घराण्याच्या कूळ पुरोयतान येवंकूच जाय.'

'हांवूय येतां. पूण ते वेदीचेर बसपाची शक्त म्हाका ना. कूळपुरोयतालो तांबूल (विडो) मात हांवूच घेतलों.'

वेंकटेशाचें गुपीत मंत्र्याच्या लक्षांत आयलें ना. ताणें म्हणलें, 'बरें बाबा म्हाका मान्य आसा. देवकाऱ्याच्या दिसा हांगा गांव-जेवणाचीय वेवस्था करूंक जाय. ब्राह्मणाच्या जेवणाची जापसालदारकी तुजी. तुगेल्याच घराकडेन जावंदी तें.'

'ताचो तुमी हुस्को करनाकात. आनी आमगेलें घर तरी कित्याक जाय? देवळांत ही वेवस्था करपाक जाता. देवाचो प्रसाद तुमी लेगीत घेवंक जाता.'

'बरें.' तातुंतलें गुपीत जाणून घेतले बगर मंत्र्यान मान्य करून घेतलें.

'बेत कसलो आसा? लाडवाचो? आमगेल्या हॉटेलांतले कृष्णभट्ट आसात न्हय, ते लाडू बरे करतात. तोंडाक उदक सुटपासारके करतात. रांदप लेगीत तशेंच. सार तांचो घमघमीत आसता.'

मंत्र्यान ताकाय मान्यताय दिली. इतल्यांत रंगम्मा माळयेर आयली आनी सकयल बसून म्हणूंक लागली, 'इतलें देवान केलें सायबा. आतां मुखावयलें सगळें तुमीच पळोवपाचें.' अशें म्हणून मुखेल विशय घोवाक सांगलो, 'ह्या सगळ्या बोवाळांत हांव विसरून गेलीं पळय. देवळाची फाटली वणत बांदतली म्हूण सांगणी केल्ली. आतां मल्लेश लग्नाक तयार जाला आनी लग्न जातकीच वण्टीचें कामूय आतांच करात.'

'इतल्या पोन्न्या देवळाची वणत बांदून घेवप म्हणल्यार कितें ल्हान भुरग्यांचो खेळ तो? पंदरा - वीस हजार खर्च येतलो ताका.' अशें मंत्र्यान म्हणलें. हे नसते गजालीक लागून मंत्र्याक निर्शेवणी आयली.

पूण रंगम्मा ओगी रावली ना. तिणें म्हणलें, 'मागीर इतलो खर्च आयल्यार कितें जालें? ताचे कृपेन तर इतलें सगळें घडून आयलां. वीस हजार म्हणल्यार व्हडली रकम आसा व्हय?'

'तूं जोडून यो मागीर कळटलें.' अशें तिडकून मंत्र्यान म्हणलें. आतां अकस्मात ताका वेंकटेश पुरोयत जावपाक आनी गांवच्या लोकांक घराकडेन जेवण दिवपाक कित्याक तयार जालो ना तें मंत्र्याक कळ्ळें. तेभायर ताणें 'तुमचे पद्धतीन - बळगधारे लग्न केलें नाजाल्यार वेंचणुकेंत मतां मेळची नात.' हें वेंचणुकेतलें ताचें गुढय उलोवन दाखयिल्लें. तो राग बायलेचेर काडीत ते आड्डले. 'घरांत विचारनासतना अशो सांगण्यो करपाच्यो? तुगेल्या बापायन कितें व्हडलो पोटलो दिला?'

'आयकता न्हय चल्या तांगेलें उलोवणें? हांवें सांगणी केली नाशिल्ली जाल्यार ब्राह्मणाचे चलयेकडेन लग्न करून तो घराण्याचें नांव वगडावन बसतलो आशिल्लो. तुमच्याय घराण्याचें नांव वताशिल्लें. वंशाची वाल हांगाच बावन वताशिल्ली. देवान इतलें केल्यार लेगीत आतां हे पयशांचें कोंत करपाक बसल्यात.'

'ताका कित्याक तुगेली रड सांगता? चल वच हांगाच्यान.' ते परते आड्डले.

तिका रडूंक आयलें. दुकां पुशीत, 'अशे पयशाकडेन पळयत बसल्यार हांकां नातू कसो मेळटलो? हांव म्हजे दागिने विकून सांगणी पावयतलीं.' म्हणत तिणें गळ्यांतल्या किंमती भांगराच्या हाराक हात लायलो. मंत्री जायत सावन ताचेकडेन बायल केन्नाच अशी उलोवंक नाशिल्ली. तेखातीर तिगेलीं उतरां आयकून तांकां चडूच तिडक मारली. 'तकली जाग्यार आसा काय ना तुजी? भुरगीं जावचीं ना खंय. सोणकुटार एक फुलयलें जाल्यार सगळें...' हें

वाक्य पुराय करचे पयलींच ताका याद जाली, सांगणी करपाक आपूण जापसालदार म्हूण. तेखातीर आतां रागार जावप योग्य न्हय अशें म्हूण तो ओगी रावलो.

'आतां तूंच तांकां सांग बाबा.' अशें म्हणून रंगम्मा वेंकटेशाचो तेंको मेळचो म्हूण रडून सांगूंक लागली.

घोव-बायलेच्या झगड्यांत केन्नाच मर्दी पडचें न्हय हें वेंकटेशाक बेसबरें खबर आशिल्लें. मंत्र्याचो राग बायलेवयलो नाशिल्लो हेंय ताका खबर आशिल्लें. तेखातीर दोगांयजाणाचें समाधान करत ताणें म्हणलें, 'मंत्री महोदय तुमगेलें खरें. पूण घरकान्नीचें सांगणी करपूय योग्य आशिल्लें. तुमकांय खर्चाचें वजें पडपाक नाका. आनी कुळदेवाकूय राग येवचो न्हय. हाचे मदलो उपाय सोदून काडपाक जाय. फकत लग्न जावपूच म्हत्वाचें न्हय. मुखार भुरगींय जावंक जाय न्हय?'

'तुका कितें म्हणपाचें आसा? मात्शें स्पश्टूच सांगून सोड.' मंत्र्यान म्हणलें.

'देवाचें जें करपाचें आसा तें तर जावपाकूच जाय. तुमकां जितलें दिवंक परवडटा तितलें तुमी दियात आनी जितले कमी पडटले तितले पयशे देवस्थान विभागांतल्यान अनुदान दिवन काम पुराय करून दियात.'

मंत्र्याक खूब उमेद जाली. इतले बेगीन हातुंतल्यान वाट काडूंक मेळटली अशें ताकाय दिसूंक नाशिल्लें. एकेवटेन वेंकटेशाचे बुदवंतकायेन ताका आपलें कमीपण जाणवलें. तरीकूय ताणें बायलेकडेन वळून म्हणलें, 'पळयलें? तो पुरोयत! ब्राह्मण! देवाची पूजा करपी पुण्यात्मो. ताच्या तोंडांतल्यान भायर सरिल्लें वचन देवाकूय मान्य आसतलें. तुकाय मान्य आसा न्हय?'

'पूण हांवें 'आमीच वणत बांदतले' अशी सांगणी केल्ली न्हय?' तिणे वेंकटेशाक विचारलें.

'सरकाराकडल्यान ग्रांट मागलेबगर मिनिस्टर आपूण जावन तुमकां पयशे थोडेच हाडून दितले. प्रजासताक राज्यांत सरकाराचो पयसो वापरल्यार लेगीत स्वताचे वापरिल्ल्याचें पुण्य मेळटा. तेभायर ताचेर तुमीय इल्लेशें दान दितलीं. एकशें एक रुपया दियात. वणत बांदून जातकूच पंचामृताचो अभिशेक करात. मागीर जालें काय ना?' अशें ताणें मंत्र्याक उद्देशून म्हणलें.

'सामकें बरोबर आसा तुजें. देवस्थानाचे इनचार्ज आसात ताका एक अर्ज दी पळोवया. पोन्नें देवस्थान पडपाचे धडेर पावलां. बेगोबेग सारकें केलें नाजाल्यार वणत पडपाची भिरांत आसा. त्या अर्जाचेर गांवच्या धा-जाणांच्यो सयो करून घे. हेर सगळें काम हांव पळोवन घेतां.' अशें मंत्र्यान म्हणलें.

वेंकटेशान मागीर ताचे भलायकेची चवकशी केली आनी ताका सांगलें, 'खूब कामां करतात तुमी. भलायकेची जतनाय घेवंक जाय.' वतना ताणें परती सुचोवणी केली. 'कसले कसले लोक कॅबिनेट मिनिस्टर जाल्यात. तुमकां उपमंत्री पदाचेरूच दवरप म्हणल्यार आमच्या जिल्ल्याचो अपमान. विधानसभेचें फुडलें अधिवेशन सुरू जावचे पयलीं तुमी मंत्री-पद मेळोवपाक चेपण घालूंक जाय.'
हें आयकून मंत्र्याक आनंद जालो. 'आतां हांव वतां. अजून न्हाण जालें ना.' अशें म्हणून वेंकटेश थंयच्यान भायर सरून वतकीच मंत्र्याक ताच्या उलोवपातलें रहस्य समजलें. मंत्र्यान म्हणलें, 'चेडयेच्याक कितले सहजपणान सगळें कळटा. कसली तकली आसा ह्या ब्राह्मणाची, तकलेंत मेंदू आसा काय पारो आसा कोण जाणा.'

## 5

लग्नाचो थाट अवर्णनीय आशिल्लो. तिरुमलापुर आनी भोंवतणच्या वाठारांतल्यो वीस गाडयो भरून लोक लग्नाक गेल्ले. बेंगळूरच्या मंत्र्यांच्यो गाडयोय मंड्याच्या रस्त्यावयल्यान धांवन परत्यो आयल्यो. चडकरून सगळ्या असेंब्ली मेंबरांनी लग्नाक हाजीर रावन वधू-वरांक आशिर्वाद दिलो. वधू-वरांचो मुख्यमंत्री आशिर्वाद दिता आसतना काडिल्लो व्हडलो फोटो दुसऱ्या दिसा बेंगळूरातल्या फामाद दिसाळ्याचेर आयलो. तिरुमलापुरांतल्या सगळ्या जातींतल्या लोकांक रूच्चीक जेवण दिलें. पूण तातुंतल्यो दोन गजाली खटकल्यो. उडुपीच्या कृष्णभटान देवळाचे फाटले वटेन माटवांत केल्लें रांदप जेवंक गांवातले जाणटे ब्राह्मण दादले आनी ब्राह्मण बायलो गेल्यो नात. हाचेर आपसांत ब्राह्मणांनी असमाधान उक्तायलें. पूण कोण झगडूंक मुखार सरलो ना.
वेवस्थापकान येवजिल्लें, रयतांखातीर शिजयिल्ल्या अन्नांतलोच एक भाग हरिजनांक धाडून दिवचो. हाचेर कांय युवा हरिजनांनी धमकी दिली. रयतांचें जेवण जातकूच आमी तांगेलें उश्टें खावचे नात.' असो भंय घालो. पूण वेवस्थापकाक खबर आशिल्लें, हरिजनाक पयलीं तांगेलो भाग धाडून दिल्यार सगळे रयत बोवाळ घालतले. हाचेर योग्य उपाय म्हणल्यार हरिजनांचें रांदप विंगडूच शिजोवचें अशें थारलें. ताची जापसालदारकी बेट्टय्याचेर सोंपयली. बेट्टय्याच्या घरामुखारूच चुडटांचें पागेल बांदून शीत, रोस, नाचण्याची आंबील, मसालेदार भाजी, खीर हें सगळें करपाखातीर आयदनां दवरलीं.
दनपरां जेवणाच्या वेळार बेट्टय्याच्या लागसल्ल्या वाठारांतल्या हरिजनांनी

एक मुद्दो उपस्थित केलो. बेट्टय्या आमचेपरस सकयले - मांग जातींतले म्हूण आमी तागेर शिजयिल्लें अन्न जेवचे नात. हे हरिजन आपलेपरस आमकां सकयले जातींतले मानतात हें बेट्टय्याकूय खबर आशिल्ली. पूण गांधी- आश्रमांत रावन येतकीच, सगळ्यांक 'हरिजन' अशें रेस्पेदाचें नांव मेळोवन दिलें. मंगळूरी नळ्यांची घरां मेळोवन दिलीं. सरकारी जमीन मेळोवन दिली. तांचेखातीर सरकाराकडल्यान मजत घेवन दिली आनी जांचो फुडारी जावन असेंल्बीत गेलों, तेच लोग आपल्यागेर जेवपाक न्हयकार दितले हाची ताणें अपेक्षा करूंक नाशिल्ली. हरिजन आपल्याक उजवो हात आनी बेट्टय्यांचे जातीक दावो हात असो भेद पाळटाले. तांचो फुडारी कोणीगय्या बेट्टय्यामुखार येवन म्हणूंक लागलो, 'देवानूच उजवो हात जेवंक आनी दावो हात कुले धुवंक केला. दाव्याहातान आफुडिल्लें तें उजवो हात कसो खातलो?' इतलें म्हणून तो थंयच्यान गेलो आनी ताचे फाटोफाट ताचे जातींतले हेर लोकूय गेले. इतलें उलोवपाचें अशें थारावनूच ते थंय आयिल्ले. मागीर मांग - दावे हातवालेय ओगी रावले नात. थंय रांदप करपाचे दवले, अर्दवट जळिल्लीं लाडकां. हातांत घेवन ते भायर सरले. प्रकरण थंयच थांबलें नाशिल्लें जाल्यार त्या दिसा उजव्या हातवाल्यांचीं घरां उज्याचे भकीक पडटलीं आशिल्लीं. मागीर दाव्या हातवाल्यांच्या घरांचीय तीच गत जाता आशिल्ली. चार-स मडींलेगीत पडटलीं आशिल्लीं. पूण बेट्टय्यान आपल्या लोकांक आडायले. गांधी-आश्रमांत रावन आयिल्ल्यान ताचें मन परिवर्तीत जाल्लें. ताणें आपल्या लोकांकूच शांत जावंक सांगलें. ताका खबर आशिल्लें, दुसऱ्यान गाळी मारल्यार लेगीत आपणे रागार जावप न्हय म्हूण. तेचबराबर जेवनासतना गेल्ल्या लोकांखातीर विंगड रांदपाचें सामान धाडून दिवपाची वेवस्था करपाखातीर ते गांवांत गेले.

ब्राह्मणांतले कांयजाण बशीन मंड्यांत वचून आयले. मंड्याचे रांदप उडपी कृष्णभटाच्या रांदपापरस रुच्चीक आशिल्लें खंय. मंड्यातल्या गौडान सगळ्या लोकांक गोड वापरिनासतना साकरेचीच खीर केल्ली खंय. 'तांगेल्या लग्नांत जितलो शुद्ध मंत्र-पाठ जालो तितलो केन्नाच आमी खंयच्या ब्राह्मणाच्याय लग्नांत लेगीत आयकलो ना.' जेन्ना एके व्यक्तीन अशें म्हणलें तेन्ना सकयल्या घरांतल्या सूरप्पान म्हणलें, 'शारांतले पुरोयत म्हणल्यार कितें समजले तुमी? शारांतल्या ब्राह्मणाचें कांयच सांगू नाकात तुमी! गुवाचेर नाणें दवरून तांकां तें जिबेन उखलशीत जाल्यार तें नाणें तुजेंच म्हूण सांगल्यार तेंय करपाक फाटीफुडें सरचे नात ते.'

■

# आठ

## 1

स म्हयने तरी जातले. वेंकटरमणय्या कोणाकडेनच उलयनाशिल्लो. देवळांत वचून पूजा करून नीट घराकडेन येतालो. श्रीनिवासाचें लग्न जावन तीन म्हयने जावचे पयलींच सरकारी इंजिनियर्स गांवात आयिल्ले आनी तांणी देवळाचे फाटलेवटेनचे वण्टीचें कामूय शिमिट लावन पुराय केलें. चाळीस हजाराभितर सगळें काम करून जालें. तेनिमतान देवाची विशेष पूजा आनी अभिशेकाचो विधी जावचो आशिल्लो. तेखातीर मंत्री महोदय, रंगम्मा, तांगेले नवे सोयरे, श्रीनिवास आनी तागेली बायल सगळेजाण येवपाचे आशिल्ले.

अभिशेकाच्या एक दीस पयलीं वेंकटरमणय्यान आपल्या चल्याक आपोवन म्हणलें, 'मात्सो हांगा यो. तुजेकडेन कितें उलोवपाचें आसा.'

स म्हयन्याचें मौन तोडून बापूय कितेंतरी सांगूंक सोदता हें पळोवन वेंकटेश मात्सो काचाबूल जालो. रांदचे कुडींत पोळ्याचें पीठ वांटत बशिल्ले बायले म्हऱ्यांतच तो भुरग्यांक खेळोवंक बशिल्लो. बापायचो उलो आयकतकूच तो भुरग्यांक उखलून घेवन भायर आयलो. वेंकटरमणय्या ताका म्हणूंक लागलो, 'हें पळय, हांवें खूब विचार केलो. हो देव म्हणल्यार एक फातोर कसो. ताची पूजा करूंक जायना. फाल्यांसावन हांव ही चाकरी करचो ना.'

बापायच्या तोंडातल्यान अशीं उतरां येत हाची ताका कल्पना लेगीत नाशिल्ली. वेंकटेशाच्या तोंडातल्यान उतरूच सुटना जालें. एक मिनटान ताणें म्हणलें, 'अप्पा, तुमचेंय वय जालां, अनवाळें- बिनवाळें पाळप म्हणल्यार खूब त्रास जातले. उपास लेगीत करपाक पडटात. आता तुमी घराकडेन सुशेगाद रावात.'

'म्हजो पूजा करपाचो सोडपाचो हो प्रश्न न्हय. हें पुरोयताचें काम म्हाका सोडपाक जाय. देव म्हणटात तें फट. असल्या देवाची पुजा करप म्हणल्यार फटींगपणाचो धंदो. तेपरस दुसरो खंयचोय बरो धंदो सोदूंक जाय. पोट भरूंक तुका तुगेलो दुसरो धंदो आसाच. मागीर हें सोडून दी.' म्हणत तांणे जानव्याक बांदिल्ल्यो देवळाच्यो चाव्यो तागेल्या पांयाकडेन शेंवटून उडयल्यो आनी

म्हणलें, 'आतां तुजी इत्सा.' अशें म्हणून तो ओगी रावलो. चल्यान म्हणलें, 'ना, अप्पा...' अशें उलोवपाक सुरवात करचे पयलींच ताणें हाताचे कुरवेन उलोवंनाका म्हूण इशारो करून खांद्यार उपरणें घालून भायर सरून गेलो.

बापायचो हो वागपाचो अर्थ ताचे मतींत आयलो ना. ताका दिसलें, फाल्यां तो पूजेक येतलो. तांच्यामुखार उबो रावन सगळ्यो विधी करपाच्यो हें ताका अपमानास्पद दिसलें आसतलें. पूण तातूंत कसलो अपमान? देवूळ म्हणल्यार कितें तांच्या बापायचो फांत न्हय. आतां तर ताचेर सरकाराचो म्हणल्यार गांवच्या धा जाणांचो अधिकार आसा. म्हणल्यार हांच्या आज्याचो आजो, कोणतरी माथेफिरू पाळेगार आशिल्लो. ते सांगतात ताणे जमनी देणगी रूपांत दिल्यात खंय. दिल्यो म्हूण कितें जालें? भौशीक जमीन आशिल्ली. जेतरेन नोकरां-चाकरांक दान दिल्ल्यो तेचभाशेन देवळाच्या पुरोयताकूय दान दिली. आतां प्रजासत्ताक राज्य आयलां. जेतरेन ते फाल्यां अभिशेक करपाक येवपाचे आसात तशे कोणूय देवळाक अभिशेक करपाक येवंक शकता. अशें येवजून ताणें आपलेंच समाधान करून घेतलें. पूण अप्पान फकत इतलेंच म्हणलें ना. 'देव-बीव सगळें फट. ताची पूज़ा करप म्हणल्यार फटींगपणाचो धंदो. दुसरो खंयचोय बरो धंदो करपाक जाय.' हेंवूय ताणें म्हणलां. तशें जाल्यार तांची मती-भ्रश्ट जाल्या काय कितें? स म्हयने जाले सामको विचित्र वागतताची. सत्या खातीर सांगणी केल्ली आसतली. रंगम्माची सांगणी फळादीक जाली आनी ताणें केल्ली सांगणी सफळ जाली ना तेखातीर ताचो देवावयलो विस्वास ना जाला काय कितें? सगळ्यो सांगण्यो सफळ जातात? ना. लोकांचे सगळे अर्ज खंयचें सरकार मंजूर करता! अप्पा कसल्या तरी भ्रमांत आसतात.

अप्पांचो विचार बरोबर काय चूक? कितेंय आसना. देवळाचे पूजेची कितेंतरी वेवस्था करूंक जाय. आठ एकर भाट आनी धा एकर शेत म्हणल्यार आतांच्या काळांत काय सामकें कमी मोल न्हय. जपानी पद्धतीन शेती करपाचें सुरु केल्ल्यान अयशीं खांडीमेरेन पीक येता. पूजा सोडप म्हणल्यार सामकें मूर्खपण जातलें. पूण सदांच आपणे देवळांत वचून पूजा करप हें म्हाका सोबसारकें काम न्हय. म्हजें इंटरमेरेन शिक्षण जालां. स्वताच्या अधिकाराचें हॉटेल आसा. ताचेंच दिसाक पंदरा रुपये उत्पन्न आसा. दिसाळ्याचो प्रतिनिधी आसा. तेभायर भोंवतणच्या गांवात सहकारी संघ, ग्रामपंचायत हांचे वेंचणुकेंसंबंदात लोकांक सल्लोय दीत आसतां. विरोधी गुटांतले लोक लेगीत दोळो चुकोवन सल्लो घेवपाखातीर म्हज्या म्हऱ्यांत येतात. अशें आसतना घांट

वाजोवन आरत दाखोवप म्हणल्यार म्हजे प्रतिशठेक बादा हाडप. आतां कितें करपाचें? दोन-तीन मिणटांभितर ताका एक उपाय येवजलो. एकाद्र्या ब्राह्मणाची नेमणूक करून ताका वर्साक अमकेंच दिवपाचें थारावन पूजा करून घेवपाची. ताच्या जेवणखाणाची वेवस्था आमगेरूच करपाची. फाल्यां 'देणगी रुपांत मेळिल्ली जमीन आपल्या नांवार करात.' असो म्हणपी न्हय असलो मनीस जाय. मनीस मात्सो जाण्टोच सोदलो जाल्यार ताका इतलें गिन्यान आसचें ना. आनी इतली हिम्मत लेगीत आसची ना. चड अणभव आशिल्लो मनीसूय नाका. मंत्राचें गिन्यान मात्शें आसल्यार पुरो. कसलोय खास समारंभ आसलो जाल्यार हांव स्वता मुखार उबो रावन मंत्र सांगपाक शकतां. पूण सदांच दाव्या हातांत घांट वाजयत उजव्या हातान आरत घुंवडावपाक आपल्याक जमचें ना. तावरेकेरे वा तुमकूरांत चवकशी केली जाल्यार असलो ब्राह्मण मेळोवपाक कसलीच तकालस घेवची पडची ना.

पूण फाल्यांच्या दिसाचें कितें करपाचें? जर बापायक सांगलें, फाल्याचेंच काम करात. ताचेउपरांत करनाकात. तशें सांगल्यार लेगीत ते तयार जावचे नात. ते जेतरेन उलयताले ताचेवयल्यान अशें दिसतालें, हें अशेंय जावंक शकता की फाल्यांची पुजा चुकोवपाखातीर तांणी अशें केलां आसतलें. फाल्यांचें काम कशें करपाचें? म्हाका मंत्र-तंत्र येनात अशें न्हय. कांय मदीं मदीं विसरलां आसतलों. आयज रातीं पुस्तकांत पळयल्यार सगळी याद जातली. मदीं चुकलेंच वा विसल्लों जाल्यार, कितेंय घडोवन मेकळो जाल्यार कोणाक कळपाचें आसा? व्हडलो देवारो सजोवन सदांच कृष्णजिनाचेर बसून स्वताक म्हान महर्षी मानपी ह्या जाणटेल्याक मदींच 'गण गण नमः गिण गिणाय नमः' म्हणल्यार कितें कळपाक आयलां? अशें वेंकटेशान येवजिलें. पूण तागेली मुखेल समस्या ही न्हय. मंत्री, तागेलो चलो श्रीनिवास आपले बरोबरचो, आनी तागेले सोयरे आसतना आपणें मंत्र म्हणत पुरोयतपण वा भटपण करप? म्हाका हें कशें सोबतलें? म्हगेले प्रतिशठेक लायक आसा व्हय? गांवातले हेर लोक, रयत, कुली, कामगार, कुंभार, शिकारी, धनगर हांचेमुखार पुडवें न्हेसून, आंगार भस्म लावन, वयर उपरणें घालून पूजा करपाक म्हाका कांय दिसना. पूण पयसो, अधिकार प्रतिशठा हे संबंदात आपले बरोबरचे वा आपलेपरस श्रेष्ठ आशिल्ल्या लोकांमुखार उबो रावन काम करप ताका अपमानास्पद दिसतालें. ह्या भटपणा इतलो वायट खंयचोय धंदो ना खंयचीय पुराणांतली कथा पळयात. 'एका गांवात एक गरीब ब्राह्मण रावतालो.' अशी कथेची सुरवात आसता.

पयर तो सुदामाचो सिनेमा आयिल्लो. तातूंत लेगीत ब्राह्मणाची लज काडिल्लेवरी दाखयलां. हें भटपण हांवें कशें करपाचें? तेवूय आपल्याच दर्जाचे लोकांमुखार.

फाल्यांचो अभिशेक कसो करपाचो? हाचो विचार तो परतो परतो करतालो. धा मिणटां विचार करतकीच एक उपाय येवजलो. गांवातले मुळावे शाळेचे मास्तर श्यामण्णा हाका पूजा-विधी आनी पूजेचे मंत्र तात्पुरते येताले तांच्या घराकडेन वचून ताणें विचारलें, 'मास्तर, फाल्यां सकाळीं तुमीं रजा घेवंक शकतात? रजा म्हणल्यार ऑफिशियल न्हय. हांव तुमगेल्या हेडमास्तराक सांगता.'

'म्हजेकडेन कसलें काम आसा सायबा?' हात जोडून उबो रावन श्यामण्णान विचारलें.

'फाल्यां तुमी मात्शे देवळांत येवंक जाय. हांव मंत्र म्हणटां आनी तुमी देवाची पूजा करपाची. म्हज्या बापायची भलायकी बरी ना. पुस्तकांत पळयलेबगर म्हाका पूजा करपाक येना. पुस्तकांत पळोवन पूजा करप हेंय समा न्हय.'

'हांव येता. तातूंत व्हडलें कितें?'

'मंत्री, तांचे सोयरे, नवें जोडपें सगळीं येवपाचीं आसात.'

'अशें.' मास्तरान श्रद्धेन विचारलें.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं मंत्र्याच्या घराकडल्यान पंचखादयेखातीर दाळ, नाल्ल बी वेंकटेशाचे घरा पावयले. वेंकटेशान ते जिनस नीट देवळांत व्हरपाक सांगले. श्यामण्णा न्हावन, कपलाचेर-हाताचेर हड्ड्याचेर भस्म लावन पुडव्याची कास मारून, खांद्यार तुवालो घेवन, भिजिल्ल्या केसांची फाटले वाटेन मारिल्ली गांठ सोरपाच्या फण्याभाशेन फुलिल्ली. सगळेकरून ते आठ वरांचेर आयले. वेंकटेशूय तयार जालो. आपल्या लग्नांत घेतिल्लें जरीचो काट आशिल्लें पुडवें दोट्टी करून लुंगी न्हेसिल्लो आनी वयर सिल्काचो शर्ट घालो. खांद्याचेर रेशमी उपरणें घेतिल्लें. दाव्या हाताच्या बोटांत तीन मुदयो आनी उजव्या हाताक दोन मुदयो घाल्ल्यो. हातांत लग्नांत दिल्ली भांगराचे सरपळेची घड्याळ आशिल्ली. कपलाचेर बिबूत लायनासतना दोनूय भुंवयामदीं कुकूम लावन हातांत एक पुस्तक घेवन तो ताचेवांगडा गेलो.

हॉटेलांतलो रांदपी सुब्बण्ण देवस्थानांत पावलो. सुबण्णान मुगाची दाळ भिजत घाली आनी तो तवशें कापपाक बसलो. ताचेउपरांत ताका रसायण करपाचें आशिल्लें. इकरा वरांच्या अदमासाक अभिशेक करपाचो आशिल्लो. मंत्र्याच्या घरची मंडळी एक वरभर उसरां येतली असो वेंकटेशाचो अदमास

आशिल्लो. आनी जालेंय तशेंच. लग्नांतलो बनारसी बुट्ट्याचो फुलांचो शालू न्हेसून रंगम्मान गळोभरून दागिने घाल्ले. श्रीनिवासाचे बायलेच्या - कुमुदिनीच्या आंगार फिकट पाचव्या कोराची नाजूक जरीच्या काटाची किंमती साडी आशिल्ली. तिगेलें न्हेसप आधुनिक पद्धतीचे आशिल्लें. गळ्यांत एकोडी सरपळी, कानांतल्यो वेड्यो आनी नाकांतले थिकींत किंमती हिरे चकचकताले. तिगेले आवयचें न्हेसप चड आधुनिक नाशिल्लें तरी रंगम्माइतलें तोंडार मारपाइतलें भक्कम नाशिल्लें. जरीकाटाचें पुडवें, रेशमी खोमीस, वयर जरीची शाल घाल्ली, व्हडल्यो मिश्यो आनी चेहरो रुंद आशिल्ल्यान केंपण्णा नाटकातल्या भोजराजावरी दिसतालो. नातवाच्या लग्नांत सोयऱ्यांनी दिल्ली व्हडली काश्मिरी शाल पांगरून आनी हातांत नवें बेताचें रोत घेवन व्हडलो पटेल तिरुमलेगौडा सामको राजर्षिच्या भेसांत आशिल्लो. ताचे फाटोफाट कृष्णाजीनाचो ल्हानसोच कवळो घेवन तागेलो नोकरूय आशिल्लो. तिरुमलेशाचो चेहरो मात देंविल्लो. जरीदेगेचें पुडवें आनी सिल्काची बंडी असो भेस आसलो तरी चेहऱ्याचेर उमेदीचें ल्हार दिसनासलें. पयलींपरस अशक्त दिसतालो. तागेले बायलेक वेंकटेशान लग्ना वेळार पयसुल्ल्यान पळयिल्ली. आतां बायलेक लागींच्यान पळयतकूच ताका दिसलें, चेहरो सुंदर, लांब आसली तरी आंगलोट मात अशक्त आशिल्लो.

गर्भकुडीच्या दारा भायर कृष्णाजीन घालून ताचेर पद्मासनान व्हडलो गौडा बसलो. फुडले वाटेन खांब्याम्हऱ्यांत सून आनी वेणीवांगडा रंगम्मा हात जोडून देवाकडेन तोंड करून बशिल्लीं. आज्या फाटल्यान एक वेंताच्या अंतराचेर बसून श्रीनिवासूय देवाचो अभिशेक पळयतालो. श्यामण्णा देवाक अभिशेक करतालो. वेंकटेश भायर उबो रावन सुरांत मंत्र म्हणटालो. 'बाब, तू इतले बरेतरेन मंत्र म्हणटा हें म्हाका खबर नाशिल्लें. पूण तुगेलो बापूय खंय आसा?' व्हडल्या गौडान विचारलें.

'तांची भलायकी बरी ना. ते न्हिदल्यात.' अशी वेंकटेशान जाप दिली.

वेयाक आपलें देवूळ दाखोवपाखातीर मंत्री तांचेवांगडा भायर गेल्ले. आपणे नव्यान केल्लें बांदकाम दाखोवन पोन्या देवळाचें काम करपाक हे नवे इंजिनियर्स कितले असमर्थ आसात हेवूय सांगताले.

कांयवेळान गांवातले हेर कांय मुखेली आयिल्ले. तांकां मंत्र्याच्या घरच्या लोकांनीच आपयिल्ले. वेंकटेश सिल्काचें खोमीस घालून मंगळारत दाखोवपाच्या वेळार मंत्र म्हणत गर्भकुडीचे भायर उबो आशिल्लो. मंत्र्याच्या घरच्या लोकांनी आनी वेयाच्या घरच्या लोकांनी आरतीच्या ताटांत जणएकल्यान एकेक

रुपयाचीं नाणीं घालीं. ताट घेवन श्यामण्णा गर्भकुडींत वतकूच सगळ्यांक आयकूंक येतलो अशा आवाजांत वेंकटेशान म्हणलें, 'श्यामण्णा, ताटांतले पयशे तुमीच काडून घेयात.' मागीर श्यामण्णान व्हडल्या पटेलाकडल्यान सुरवात करून सगळ्यांक तीर्थ दिलें आनी प्रसाद घालूंक केळीचीं पानां सुब्बण्ण सगळ्यांक दितना वेंकटेश मुखार आयलो आनी व्हडल्या गौडाक म्हणलें, 'पंचखादयेंत उदक घालां. रसायन मात शुद्ध फळाचें केलां. तें तुमी घेवंक शकतात न्हय?' वेयाक हातुंतलें कांयच कळ्ळें ना. ते मंत्र्याकडेन पळोवंक लागले. मंत्र्यान ल्हवूच सोयऱ्याच्या कानांत वचून सांगलें, 'अप्पाजींक पंचखादयेंतली दाळ चाबपाक दांत नात.' वेंकटेशाच्या उलोवण्यान वेयाच्या मनांत जी उत्सुकताय निर्माण जाल्ली. मंत्र्याचे हे जापेन तांचें समाधान जालें ना. वेंकटेशान मुखार ताची फोडणीशी केली. 'राजर्षी आसात ते! हेर जातींतल्या लोकांनी उदक घाल्ले जिनस ते खायनात.' मंत्री सामको गडबडलो. ताणें रोखडेंच म्हणलें, 'हेच ते आमगेले पुरोयत, वेंकटेश.'

ताणेंय हांसत्या मुखान म्हणलें, 'कितें करतलो? अशें कितेंय जालें जाल्यार मॅनेजमेंट सांबाळचोच पडटा न्हय?'

## 2

वेंकटेश श्यामण्ण मास्तरावांगडा देवळांत वतकूच कांय वेळान वेंकटरमणय्या नोकराच्या हातांत कुदळ दिवन ताका घेवन भाटांत गेलो. जंय माडाचीं चुडटां एकठांय करून दवरताले तो जागो दाखोवन म्हणूंक लागलो, 'हें पळय, हांगासरलें सगळें सामान उखलून दुसरेकडेन दवर त्या जाग्यार एक खोंप बांदूक जाय.'

'आतां खोंप कित्याक जाय?' चाळीस वर्सां पिरायेच्या केरगान विचारलें.

'हांव आतांसावन हांगाच रावतलों. तुज्या एकल्याच्यान जावचें ना हें, आनीक चार जाणांक तयार कर. चारूय वाटेन हड्ड्यामेरेन येवपासारकी वणत बांदपाची मुखार ल्हान दार. दोनूय वटेन एकेक फातराचो खांबो, ताका चुट्टानीं केल्लें दार - तूर्ताक इतलेंच पुरो.'

हो ब्राह्मण भाटांत कित्याक रावंक जाय म्हणटा हें नोकराक कळ्ळें ना. तीन-चार म्हयन्यांसावन तो कोणाकडेन कांयच उलयनाशिल्लो हें ताकाय खबर आशिल्ल्यान ताणेय ताची चड झडटी घेतली ना. माडांची चुडटां दवरपाच्या जाग्यारूच ही खोंप कित्याक बांदपाक सोदतात असोय प्रस्न ताच्या मनांत

आयलो. मागीर विचार करतकीच नोकराक कळ्ळें, हो जागो उंचायेर आसा. देंवती आशिल्ल्यान पावसाळयांत उदक तुंबून उरचें ना. उदकाचें कुंड लागींच आशिल्ल्यान उदकाखातीर पयस वचपाक पडचें ना.

त्या दिसा सांजवेळां वेंकटेशान बापायक विचारलें, 'भाटांत खोंप बांदूक कित्याक लायल्या अप्पा?'

'आतां हांव थंयच रावतलों.'

'घरांत तुमकां कसले त्रास जातात?'

'त्रास कसलेच नात. पूण थंय रावनशें दिसता. देवाविशीं कालूच तुजेकडेन हांव उलयिल्लों. तेखातीर आतां सावन घरसंवसाराची जापसालदारकी तुजी. म्हाका तातुंतलें कांयच विचारनाका.' इतलें उलोवन तो ओगी रावलो. आनीक मुखार कितेंच उलोवपाची इत्सा ना हें ताच्या चेहऱ्यावयले भाव दाखोवन दिताले.

तशें पळोवंक गेल्यार घरातले सगळें काम वेंकटेशूच पळयतालो. हालींसरा वेंकटरमणय्यान घराकडेन लक्ष दिवपाचें कमी केल्लें. फकत नाल्ल विकपाखातीर बाजारांत वतालो आनी दलालाकडेन रोख वेव्हार करपाखातीर प्रत्यक्ष वतालो. आतां अकस्मात भाटांत रावपाचें ताणें कित्याक थारायलें? बेंगळूरांत वचून सत्याक व्हाणांनी बडयतसावन तो भ्रमांत आशिल्लेवरी वागतालो. श्रीनिवासाचें लग्न जायत सावन तो चडूच पिशांभशेन वागता. आनी तागेलें मौन, येवजुवप हाचें प्रमाण वाडलां. ताका आतां कितें करपाचें? ह्याच विचारांत वेंकटेश आशिल्लो.

आठ दिसांत खोंप तयार जाली. घरांतल्यान दोन तोप, पळी, एक तांबयो, दोन ल्हान आयदनां, हातूळपाक दोन साक, पांगरुंक एक पांघरुण इतलें सामान घेवन तो खोपींत गेलो. वेंकटेशान म्हणलें, 'अप्पा, तुमकां जाय जाल्यार भाटांत रावात. पूण नास्तो, जेवण घराकडल्यान धाडून दितात.' पूण अप्पान ताका न्हयकार दिलो. मागीर उपाय नासून वेंकटेशान तांदूळ, दाळ, मिरसांगेचो पिठो अशें सामान एका पाटल्यांत घालून नोकराच्या माथ्यार दिवन धाडलें. अप्पा खोंपींत रावंक गेलो त्या दिसा ताका घर खावंक येवंक लागलें. वानप्रस्थ वा संन्यास हाची ताकाय जाणविकाय आशिल्ली. पूण तो काळ आतां फाटीं पडलो. पूण अप्पा करतात तो वानप्रस्थ न्हय. वानप्रस्थाक बायलेवांगडा वचपाक जाय. हाका संन्यासूय म्हणप समा न्हय. संन्यासी स्वताच्या भाटांत रावनात. ताचें स्वताचें अशें कांयच आसपाक जायना. कितें जावपाचें तें जावन गेलें. ते चेडयेन अशीं मूर्खपणां केलीं जाल्यार हे कित्याक इतलें मनाक लावन

घेतात? चार थापटां फुलोवन जाग्यार येतकूच बरो चलो पळोवन लग्न केल्यार मेकळें जालें. अशें ताणें रातीकडेन येवजिलें. आनी वेंकटेशाची बायल जयलक्ष्मीय मांवाविशीं विचार करीत रावली.

वेंकटेश उठून भाटांत गेलो. वेंकटरमणय्या शेजरा आशिल्ल्या कुंडांत न्हातालो. तागेल्या गळ्यांत जानवें नाशिल्लें. ताणें तें कुंडाचे धडेर दवरिल्लें. वेंकटेशानूच विचारलें, 'अप्पा, हें जानवें हांगा धडेर कित्याक काडून दवरलां? अशें करूंक जाता?'

'हातूंत कितें आसा? स पोड आशिल्लें सूत-'

खऱ्यांनीच हांची तकली सारकी ना काय कितें? धर्मशास्त्र, अनवाळें-बिनवाळें, आचरण हातूंत ते पयलींसावन सामके निश्ठेन करताले. जेन्ना वेंकटेशान हॉटेलाखातीर इमारत बांदली तेन्ना ताणें म्हणिल्लें - 'हें ब्राह्मणाच्या लायकीचें काम न्हय.' आनी आयज ह्याच जानव्याक स पोडाचो दोरो म्हणटात! धर्मशास्त्र आनी आचरणाचो तिरस्कार करपी लोक दोन तरेचे आसतात. एक संन्यासी वा पिशे! सामके संन्यासी जाल्ले जाल्यार भाटांत कित्याक रावतले आसले? वेंकटेशाक कांयच समजनाशिल्लें. वेंकटेश ओग्गी अप्पा न्हाता तो पळयत उबो रावलो. तो आंग घासनासतना कमरे इतल्या उदकांत उबो रावन उदकांत बुडून बुडून उठटालो. परतें परतें माथें उदकांत बुडयतालो. ताणें अशें कितले फावटीं केलें हें वेंकटेशान मेजलें ना. निमाणे वेंकटरमणय्या उठलो आनी देगेर आयलो. न्हेशिल्लें पुडवें ताणें धडेर काडून दवरिल्लें. वतांत आंग सुकयतकूच परतें तेंच पुडवें न्हेसून ताणें दोनूय हातांत जानवें घेतलें. नवें जानवें घालतात तशें 'यज्ञोपवीतं परमं पवित्रं -' म्हणत ताणें तें जानवें गळ्यांत घालें. आनी परतून कुंडात देंवन आचमन केलें. आतां मात वेंकटेशाक कळ्ळें, अप्पाची तकली सारकी ना. हातूंत मात लेगीत दुबाव घेवपासारकें उरलें ना. पूण वेंकटेशाक कांयच म्हणप शक्य नाशिल्लें. तकलेचेर परिणाम जाल्ल्या मनशाचेर सद्दां सकाळीं माथ्याक लिंबू चोळून, चाळीस पन्नास थंड उदकाच्यो कळसुल्यो माथ्यावयल्यान ओतयतात. वा बेंगळूरांतल्या पिशांच्या हॉस्पिटलांत दाखल करतात. अप्पाक पिशांच्या हॉस्पिटलांत घालपाच्या विचारानूच तो दुख्खी जालो. ताणें ह्या संबंदात खूब गजाली आयकल्ल्यो. असल्या मनशांक एकले सोडले जाल्यार तांचें पिशेंपण वाडपाची शक्यताय आसता. ताका घराकडेन घेवन वचपूच योग्य ह्या निर्णयान तो थंय पावलो. पूण घरांत तरी कितें? कोणाकडेन कांयच उलयनात. फाटल्या स म्हयन्यां सावन तांची तकली घुंवल्या? म्हज्या लक्षांतूच आयलें ना हें! देव

फटींग अशें तांणी म्हणलें ताका काय चड दीस जाले नात. फकत आठ दीस जाल्ले. हें येवजून तो ओग्गी उबो रावलो. हाचेपयलीं केन्नाच ताका असल्या प्रसंगांक तोंड दिवचें पडूंक नाशिल्लें.

इतल्यान संध्या आटपून तो वयर आयलो. तेन्ना वेंकटेशान विचारलें, 'अप्पा, सप्तकांतल्यान एकफावट माथ्याक तेल लावन न्हायात म्हणल्यार तुमी खंय आयकतात? तुमी जाणात, तुमच्या आंगांत कितली उष्णता आसा ती?'

वेंकटरमणय्या कांयच उलयलो ना. आपलो ह्या उलोवपाकडेन कांयच संबंद नाशिल्लेवरी तो खोंपीकडेन गेलो. ताचे फाटोफाट वचत वेंकटेशान म्हणलें, 'खूब गरमी जाली जाल्यार तकलेक लिंबू चोळून न्हावंक जाय अशें म्हणटात. थंड उदकान बेश्टेंच बुडून कांयच जावचें ना. कोणेतरी तकलेवयल्यान कळशेन उदक ओतोवंक जाय.' तरीकूय तो कांयच उलयलो ना. मुखार आतां कितें सांगपाचें हें कळनाशिल्ल्यान वेंकटेश ओग्गी उबो रावलो. पांच मिणटानीं ताणें म्हणलें, 'पिशाचे तकलेर लिंबू चोळून थंड उदक ओतयतात. म्हाका कांयच जाल्लें ना. मोन्यांनी तुगेलीं कामां तूं कर. म्हाका असो त्रास दिवं नाका.'

वेंकटेशाक वायट दिसलें. पूण तापयलें तें आपल्या बापायनूच अशें समजून तो ओग्गी रावलो. मागीर कितेंतरी येवजून वेंकटेशान म्हणलें, 'भाटांत रावंक जायजाल्यार राव, पूण रांदप करून करून तोंडाक गोबोर आनी काळें फासून घेवपाची कसली गरज? हांव घराकडल्यान जेवण हाडून दितां-'

'तें म्हजें म्हाकाच पळोवंक दी.' इतलें सांगून ताणें खोंपीत वचून दार बंद करून घेतलें.

वेंकटेश धा मिणटां भायर उबो रावलो. मागीर भाटाचो एक भोंवतडो काडलो आनी बसस्टँडाचे लागसर आशिल्ल्या आपल्या हॉटेलाकडेन गेलो. खांद्यार कुदळ दवरून वचपी चार शेतकार वाटेर मेळ्ळे. तातुंतल्या एकल्यान विचारलें, 'अप्पा भाटांत रावतात खंय? तें कित्याखातीर?'

वेंकटेशान रोखडेंच सांगलें, 'कितें करपाचें सिद्दप्पा? हालींसरा चोरयांचे प्रमाण वाडलां. खूब तकालस घेवन माड उबे केल्यात. आनी ताका नाल्ल लागल्यात. ते चोराक चोरपाक दिवचो ना. दीस-रात हांगाच रावन भाटाची राखण करतलो. तुमगेल्या भाटांत चोरी जायना?'

'चोरयो कित्याक जायनात? आमी मध्यान्नेर भोंवतडो काडून येतात.'

'वचप, येवप कित्याक म्हूण अप्पान हट धरलो आनी ते थंयच रावपाक गेले. दनपरां जेवणाखातीर मात घराकडेन येतात. बाकीचो वेळ थंयच...' अशें म्हणून वेंकटेशान मुखार वचपाक पावल घालें.

## 3

हालींसरा वेंकटरमणय्यान गांवांत येवपाचेंच सोडून दिलें. तांदूळ, दाळ, मिरसांगे पिठो असले गरजेचे जिनस वेंकटेशूच खोंपीत हाडून दवरतालो. एक नोकर सदां एक तांबयोभरून दूद हाडून दितालो. तो नेमान सदांच रांदिनासलो. जेवणाचेंय थाराविक अशें प्रमाण नाशिल्लें. केन्नाय खूब शीत करून भरपूर, पोटभरून जेवतालो नाजाल्यार दुसऱ्या दिसा एक पेलो दूद पिवन दिसभर तसोच रावतालो. तो हेर कोणाकडेनूय उलयनासलो तरी आपलेकडेन कितेंतरी उलयता अशें ताच्या ओंठाच्या हालचालीवयल्यान दिसून येतालें. जोत धरपी, नाल्ल पाडपी, भाटाची वंय सारकी करपी हे लोक काम करपाक येताले. घरांतलो नोकर दनपारच्या वेळार गोरवांक भाटांत चरपाक सोडून वतालो. पूण वेंकटरमणय्या तांच्या संपर्कात रावनाशिल्लो. आपल्याच भ्रमांत आसतालो.

एकेक दीस भायलें दार उक्तें दवरून भायर सरून वतालो. व्हाळाचे धडेवयल्यान चलत देवळाकडेन वतालो. देवळाभोंवतणीं प्रदक्षिणा काडिल्लेवरी एकदोन भोंवताडे काडटालो. मंत्र्यान सरकाराचे मजतीन बांदिल्ली देवळाची वणत सामके बारिकसाणेन पळयतालो. ज्या देवाची तीस वर्सां परस चड पूजा केल्ली त्या देवाच्या दारांत उबो रावन हात लेगीत जोडनाशिल्लो. विदेशी, पाश्चात्य संशोधक आशिल्लेवरी वण्टीवयल्यो देव-देवता, यक्ष-यक्षिणी, नर्तक-नर्तकी, झुजांतले हत्ती-घोडे, सैनिकांचीं कोरीव शिल्पां पळयत उबो रावतालो. मदींच अकस्मात शेजरा आशिल्ल्या कॅनालांत आंगावयले कपड्यांसयत सुतकावेळार न्हातात तशो उडकी मारतालो. आनी तशेच ओल्या कपड्यानीच आपले खोंपीकडेन वतालो.

वेंकटेशान कितेंय सांगल्यार लेगीत पुराय गांवात वेंकटरमणय्याक पिशें लागिल्ल्याची खबर कळिल्ली. पूण कांय बाबतींत ते सामके सादूर आसताले. माडाच्या चुडटांचो मात्सो आवाज आयल्यार रोखडेच खोंपीभायर येतात, अशेंय गांवचे लोक सांगताले. तेखातीर गांवातले दुसऱ्या लोकांच्या भाटांनी चोरयो जाताल्यो पूण हांगेल्या भाटांतलें कांयच चोरयेक वचनाशिल्लें. दार उक्तें आसल्यार लेगीत कोणूच भितर पावल दवरनाशिल्लो.

रातीचीं धा वरां जाल्लीं. वेंकटरमणय्यान खोंपीचें दार धांपलें आनी भाटांतल्यान भायर आयलो. वंयेचें दार धांपलें आनी शेताचे सकयलेवाटेन देंवलो. उमाशेचे दीस जाल्ल्यान सगळेकडेन काळोखूच आशिल्लो. त्या काळखांतल्यान वाट काडीत शेताचे मेरेवयल्यान तो मुखार वचूंक लागलो.

चार शेतांची पलतड काडटकूच एक ल्हान उदकाचो व्हाळ लागलो. तातूंत धोंपरामेरेन पांय बुडपाइतल्या उदकांतल्यान मुखार वचून तो परतो चलूंक लागलो. आनीक दोन शेतांची पलतड काडटकूच एक ल्हान कानाल आसा. दोशींवटेनचें शेताचें उदक एकठांय जावन मागीर मुखार वता. तळ्याचीं तिनूय फाटकां पुराय उक्तीं केलीं जाल्यार ह्या व्हाळाची पलतड करपाक कोणाच्यान जावचें नासलें. पूण आतां ह्या वेळार तितलें उदक व्हांवनाशिल्लें. तो व्हाळाच्या कुशींतल्यान मात्सो सकयल चलूंक लागलो. चार शिंदींची झाडां घालून सांकोव केल्लो थंय वचून ताणें त्या व्हाळाची पलतड गांठली. परते शेताच्या बांदावयल्यान मुखार गेलो. शेजारच्या नाल्लाच्या भाटाक सामको कडक बंदोबस्त केल्लो. लागींच आशिल्ले मांग-म्हार वसतेक लागून ह्या भागांत चोरयांचें प्रमाण चड आशिल्लें. नाल्लाच्या भाटाचे कुशींतल्यान तो मुखार वचूंक लागलो. थंयच मुखार नवी मंगळूरी नळ्यांनी नटिल्ली हरिजन कॉलनी आशिल्ली.

फाटलीं कितलींतरी वर्सां तो ह्या भागांत येवंक नाशिल्लो. पयलो चडाव काडटकूच मात्शे उंचायेर म्हारवाडो आशिल्लो. ताचे उदेन्तेक मात्शे सकयले वटेन मांगवाडो आशिल्लो. पयलीं थंय बेट्टय्याचें घर सोडलें जाल्यार हेर सगळ्यो खोंपीच आशिल्ल्यो. तातुंतल्यो अर्द्यांपरस चड तणाच्यो आशिल्ल्यो. आतां मात सगळींच मंगळूरी नळ्यांचीं घरां थंय जाल्लीं. सगळीं एकेचभशेन. वसतेंतले लोक जागे आशिल्ले अशें दिसतालें. गल्लीच्या मदेंकांत उजो पेट्टालो. कांय घरांच्या सोप्यांचेर पेटिल्ले लापयांव हुमकळायिल्ले. वेंकटरमणय्या वसतेकडेन आयलो. सात-आठ सुणीं वांगडा भोंकपाक लागलीं. पूण तो सुण्यांक भियेलो ना. वयल्यान 'थू चेडयेच्यांनो' अशी गाळ मारून तो मुखार वचपाक लागलो. वसतेचे मदीं पावलो तेन्ना ताका उज्याचे भोंवतणीं बसून बायलो-दादले सोरो पीत बशिल्ले दिसले. पॅत्रॉलाच्यो लांबशो बाटल्यो आनी मातयेचे बुडकुलेय शेजराच भरून दवरिल्ले. उज्याच्या उजवाडांत तांचे तांबडेच दोळे दिसताले. ताचो आकार दिश्टी पडटकूच एकल्यान आड्डी मारून विचारलें, 'कोण आसा थंय?'

'हातुंतली मातंग वसती खंयची आनी म्हारवाडो खंयचो?' ताणें विचारलें.

'आरे, देवळांतलो ब्राह्मणसो दिसता.' एकलो ताका वळखलो. सगळे उठून उबे रावले.

'म्हारवाडो खंयचो आनी मांगवाडो खंयचो?' ताणें परतें विचारलें.

तातुंतलो एकलो आड्डलो, 'आरे! पिसाविल्लें सुणें वसतेंत आयलां! लक्ष्मीक चोरूंक!'

सगळेजाण विंगड विंगड दिकेन गेले. आनी एक मिनटांत ते सगळे घरांतल्यान भायर आयले आनी वेंकटरमणय्याच्या आंगार शेणाचे लोळे शेंवटून मारूंक लागले. मदींच कांयवेळ शांत जाल्लीं सुणीं परतीं भोंकपाक लागलीं. एके बायलेन कुसोवपाक पोरसांत दवरिल्लें शेणाचें पाटलेंच हाडलें. चौगजाणानीं तिच्या हातांतल्यान तें घेवन नेम धरून वेंकटरमणय्याच्या चेहऱ्याचेर, आंगार मारलें. तांगेली तकली, चेरो, फाट हात, पांय, धोपरां शेणान भरलीं. इतलेंच न्हय शेण मारिल्ल्यान ताचें पुराय आंग दुखपाक लागलें. तो परतलो आनी झरझरीत चलूंक लागलो. तरीलेगीत ताचे फाटीचेर सुय् सुय् करून शेणाचे लोळे येवन पडटाले. ताणें चलपाचो वेग वाडयलो. फाटोफाट सुणींय धावंक लागलीं. पूण तो धांवलो. आपूण धांवलो जाल्यार सुणीं आपले लगदे काडटलीं हाचें ताका भान आशिल्लें. फाटल्यान वळून आवाज वाडयलो जाल्यार सुणीं ओग्गी रावतलीं आसलीं हेंय ताका खबर आशिल्लें. पूण तशें केल्लें जाल्यार शेणाचे लोळे तोंडार बसपाची भिरांत आशिल्ली. तो ल्हव ल्हव पावलां घालून चलतालो. इतल्यान कोणेतरी एकल्यान 'फीव फ्युव' करून शिळोणी घाली. जीं सुणीं भिवन पयसुल्ल्यानूच भोंकतालीं तीं आतां आंगार चडपाक लागलीं. तातुंतल्या एकल्यान ताच्या धोंपरा सकयल फाटलेवाटेन पोंवटेक घांस मारलो. 'आवयस' म्हूण आड्डी मारतकीच सुणीं लेगीत भिलीं आसतलीं. मागीर एकलो म्हऱ्यांत आयलो आनी ताणे सुण्यांक 'बा, बा' करून कुशीक आपयलीं. सुणीं रोखडींच परतलीं.

वेंकटरमणय्या आपल्या भाटाचेवटेन चलूंक लागलो. जंय सुण्यान घांस मारिल्लो थंयच रगत येतालें. काळखांत कांयच सारकें दिसनाशिल्लें. झरझरीत ताणें शिंदीच्या झाडांचो साकोव, मदलीं शेतां, व्हाळ हुपलो आनी आपल्या भाटाकडेन आयलो. आतां तागेली जखमूय भगभगूंक लागिल्ली. थंय लक्ष दिनासतना ताणें वयेचें दार उक्तें केलें. मागीर खोंपीचें दार उक्तें केलें. खोंपीतल्या लापयांवाच्या उजवाडांत ताणें एक फावटी पांयाची जखम बारिकसाणेन पळयली. सुण्याचे दोन दांत मांसाक लागिल्ल्यान थंयच्यान रगत येतालें तें आतां थांबत आयिल्लें. जखम सुकत आयिल्ली. पुराय आंगाचेर शेण चिकटल्लें. अशेच वचून कुंडात न्हावन आंगावयले कपडे धुवन हाडचे अशें ताका दिसलें. पूण मात्सो सुशेग घेवन उठचें असो विचार करून तसोच थंयच बसून रावलो. बसतकीच परती उठपाची इत्साच जाली ना. लापयांवाच्या उजवाडांत आपलें आंग हात पळयत बसून रावलो. कांय वेळान ताणें लापयांव पालयलो आनी काळखांतच बसलो.

एक वरापरस चडूच वेळ तो तसोच बसून रावलो आनी मागीर उठून परतो लापयांव पेटयलो. कुंडाकडेन वचून आंग घांसून ताणें न्हावन घेतलें. शेणान दाटिल्ले कपडेय ताणें उदकांत भिजोवन धुले आनी पिळून सुकोवपाक घाले. दुसरे कपडे नाशिल्ल्यान वालो न्हेसून ताणें एक पांगरुण आंगार पांगरून घेतलें. इतल्यांत कोणतरी भाटाचें दार उक्तें करून खोंपीचे दिकेन येता आशिल्ल्याचो ताका भास जालो. लापयांव घेवन तो भायर आयलो. पळयत जाल्यार मातंगी भायर आयिल्ली. काळी साडी आनी पाचवें पोल्क आनी माथ्यार पचपचीत तेल लावन केंस वळयिल्ले. कपलाचेर रुंद कुकूम लायिल्लो. ती म्हऱ्यांत आयली तेन्ना भट्टेंतल्या सोऱ्याचो वास आयलो. वेंकटरमणय्या तिचेकडेन पळयत रावलो. चार हात अंतराचेर ती उबी राविल्ली.

ताणें विचारलें : 'मातंगी. आतां कित्याक हांगा आयली, ह्या वेळार?'

'तुमी आमचे वसतेंत कित्याक आयिल्ले?'

ताणें ताची जाप दिली ना. तिचो प्रस्न कळनाशिल्लेवरी तिचेकडेन पळयत उबो रावलो. तिणेंच परतें विचारलें, 'इतल्या वर्सांनीं आयज परती मातंगीची याद आयली? मध्यान्नेर उठून आयले? म्हारवाड्यार ब्राह्मण आयल्यार महालक्ष्मी थंयच्यान भायर सरून वता हें खबर नाशिल्लें तुमकां?'

पूण हो ताका खबर नाशिल्लो असो विशय नाशिल्लो. म्हयन्याची पाळी आयिल्ले लक्ष्मीन ब्राह्मणाचे वसतेंत तीन दीस रावपाक जागो मागिल्लो खंय. आपल्या अनवाळपणाक आडखळ जायत म्हूण ब्राह्मणांनी तिका रावपाक जागो दिलो ना आनी रोखडीच थंयच्यान वचपाक सांगलें खंय. मागीर ती वेपाऱ्यांचे वसतेंत गेली. तांणी तिचें स्वागत करून तिका रावंक जागो दिलो. ती तांचेर प्रसन्न जाली. मागीर हे वेपारी वेपाराखातीर विंगविंगड गांवानी हेडून गिरेस्त जाले. थंय एकूच दीस रावन ती म्हारांचे वसतेंत गेली. तांणीय तिका श्रद्धा आनी भक्तीन एक खोंप रिती करून रावंक दिली आनी थंय तिका बरेंच आदरान वागयली. तांचेरूय ती प्रसन्न जाली. पापी ब्राह्मणांचेर मात ती प्रसन्न जाली ना. तेखातीरूच ब्राह्मण खंय वता थंय गरीबूच उल्ले. असले पापी ब्राह्मण आपले वसतेंत आयले जाल्यार लक्ष्मी वता म्हूण 'अशा ब्राह्मणांक शेणाचे लोळे मारून धांवडावपाचें' अशी म्हारांमदीं पद्धत आनी समजूत आसा.

ही कथा, शास्त्र आनी तांची समजूत वेंकटरमणय्याक खबर आशिल्ली. पूण आपल्याक हालींसरा सारकी याद जायना हें ताच्या लक्षांत आयलें.

मातंगीन विचारलें. 'कित्याक आयिल्ले तुमी?'

'हरशींच आयिल्लों.'

'तशें जाल्यार हांव वतां.' म्हणत ती वचपाक भायर सल्ली. ती धा पावलां मुखार गेली आसतली, ताणें तिका उलो मारलो, 'ए. राव. तुका पळयन दिसलें म्हूण हांव आयिल्लों.'

ती परती ताच्या म्हऱ्यांत आयली. कसलीच भीड मुरवत नासतना ताचो हात धरून म्हणूंक लागली, 'अशें, खरें सांगात. हे मातंगीकूय तुमची याद येता धनी! पूण तुमच्या नांवाची वाट लागत म्हूण हांव येना.' म्हणत ती ताका खोंपीत घेवन आयली. थंय आशिल्ले शेंदरेचेर ताका बसोवन खोंपीचें दार बंद केलें आनी आपूणय ताच्या शेजरा बसली. तिच्या तोंडाची सोऱ्याची घाण खोंपीत कोंडिल्ल्यान ताका घुस्मटिल्ले भशेन जावंक लागलें. तरी तो तिचेकडेन पळयत रावलो. भट्टेंतलो सोरो पियेल्ल्यान तिचो चेहरो सुजिल्लो आनी जोर आयिल्लेवरी दिसतालो. दोळे तांबडे जाल्ले. तिणें म्हणलें, 'म्हारां वाड्याचे पलतडीं आमची वसती. म्हारां वाड्यार बोवाळ आयकूंक आयलो. कितें जालें हाची चवकशी केली तांणी सांगलें, देवळांतलो जाण्टेलो ब्राह्मण वसतेंत घुशिल्लो. शेणाचे लोळे मारून ताका धांवडायलो. सुणेंय चाबिल्ल्याचें सांगलें. म्हाका कळ्ळें ना कित्याक आयिल्ले ते धनी? म्हणलें, मातंगीकूच मेळूंक आयिल्ले आसतले! म्हूण तशीच उठून आयली.'

दोळ्यांची पापणी लेगीत हालयनासतना तो तिचेकडेन पळयत बसलो. तिणेंच विचारलें, 'सुणें चाबलें?'

उजवो पांय मुखार करून ताणें जखम दाखयली. तो पांय आपले मांडयेर घेवन तिणें म्हणलें, 'मेल्ल्यान कसलो लगदोच काडला पळय!' आवय वयल्यान गाळ मारून... 'खूब दुखता न्हय?' अशें म्हणटकीच ताका दुखता हाची जाणविकाय जाली. ताणें म्हणलें, 'हय.' ताचो पांय सकयल दवरून लापयांव घेवन ती भायर गेली. वंयेकडेन आशिल्लो दगडी पालो सोदून तो बुड्डून हाडलो आनी दोनूय हातांनी तो पालो चोळून ताचो रोस तिणें ते जखमेचेर पिळ्ळो. एकेका थेंब्यासरशीं जखम भगभगूंक लागली. तो वळवळपाक लागलो आनी तोंडांतल्यान स्ऽ हाऽ म्हणपाक लागलो. ल्हान भुरग्यांक समजायतात तशें तिणें म्हणलें, 'भगभगता? पळयात जखम बेगीन भरून येतली.' अशें म्हूण तिणें पानांचो चोथो ते जखमेचेर दामलो आनी आपले साडयेचो पदर दांतान पिंजून ती पट्टी तिणें ताचेर घट बांदली.

वेंकटरमणय्या तिचेकडेन पळयत बशिल्लो. कितें उलोवचें हें ताका येवजनाशिल्लें. तिकाय कितें उलोवप हें कळनाशिल्लें. सकयल मान घालून

जमनीर पळयत मोन्यांनी बसून रावली. कांयवेळ तसोच गेलो. मागीर तिणें विचारलें, 'म्हाका कित्याक सोदीत आयिल्ले?'

'हरशींच.'

'बेश्टेच कित्याक येतले, खरें कितें तें सांगात. इतलीं वर्सां जालीं मातंगीची यादूच आयली ना?'

'तूंय म्हाका पळोवन पळयले नाशिल्लेवरी करून थंयच्यान वताली न्हय!'

'आमची जात सामकी वायट धनी. बेट्टय्यान गांवात येतकीच नेम घाला. खंयचेय बायलेन हेर दादल्याकडेन वचपाक जायना म्हूण.'

'सगळेजाण तागेलें आयकतात?'

'कांयजाण आयकतात. कांयजाण आयकनात. पूण हांव तांगेलें आयकतां.'

'तशें जाल्यार आतां कित्याक आयल्या?'

'तुमी म्हाका सोदीत आयिल्ले म्हूण. तुमी रागार जायनाकात धनी. म्हाकाय येवचेंशें दिसतालें. पूण हिम्मत नाशिल्ली. आता तुमगेलीं भुरगींय व्हड जाल्यांत. म्हजो चलो लेगीत...' अशें म्हणत तिणें आपली जीब चाबली.

'तुगेलो चलो आतां कितें करता?'

'तुगेलो चलो अशें कित्याक म्हणटात तुमी?' अशें तिणें विचारतकूच ते अस्वस्थ जाले. तिणें रोखडेंच म्हणलें, 'भियेवंनाकात. त्याच दिसा हांवें तुमकां सांगलां. तुमचो मान तो म्हजो मान म्हूण. कोणाकूच हांव तें सांगचें ना. मातयेंत बीं पडून रोपलो जातकूच धर्तरीमाता थोडीच विचारता खंयचे चिमणेन बी हाडून उडयली म्हूण? तुमी चिमण्यावरी आसात. ब्राह्मण म्हणल्यार चिमणो आनी मांग म्हणल्यार कावळे. चिमणेच्या बीजापासून चिमणीच जातली. मातंगी कितें ब्राह्मणाची?'

ताका ह्या प्रस्नाची जाप कितें ती कळ्ळी ना. तिणेंय परतें कांयच विचारलें ना. तिचें लक्ष दुसरेकडेन गेलें. तिणें फाटल्यान वळून पळयलें. फाटले वण्टीकडेन तीन फातोर दवरून रांदन केल्ली. पूण तातूंत गोबोर दिसनाशिल्लो. लागसारूच फातरांचेर आयदनां घासून उमथीं घाल्लीं दिश्टी पडलीं. तिणें विचारलें, 'आयज तुमी जेवले ना?'

'हांव सदां रांदना.'

'आतां हांवें रांदून दिल्यार तुमी जेवतले?'

ताणें अपुरबायेन तिगेल्या चेहऱ्याकडेन पळयलें. ती उत्तेजीत जाल्ल्याचें ताच्या लक्षांत आयलें. वेंकटरमणय्यान विचारलें, 'बेट्टय्यान हेर जातींच्या

दादल्याकडेन वचूंनाकात म्हूण सांगलें, सोरो पियेनाकात म्हूण नेम घालो ना?'

'नेम घाला. ते बंगळूरांत वतकूच आमी पितात. तांगेली बायलूय पियेता.'

तो परतो ओग्गी बसलो. तिणेंच विचारलें, 'आतां हांव रांदप करूं?'

तिणें हो प्रस्न दुसरेफावटी विचारिल्लो. तिणें शिजयिल्लें आपणें खांवचें काय खावचें न्हय? हाचो तो विचार करत बसून रावलो. तिणें परते म्हणलें, 'आमचे सारकेल्यांक लागीं करतात. मागीर आमच्या हातचें जेवण कित्याक जेवनात?'

तिगेलीं उतरां आयकून ताका कच्च जालें. कपलावयल्यान आनी मानेवयल्यान घामाच्यो पावळ्यो पडपाक लागल्यो. ही आतां सोरो पिल्या. आपूण कितें उलयतां हें तरी तिका कळटा काय कोण जाणा! काय बेट्टय्या जें सांगत आसता तेंच ती बडबडटा? तिणेंच म्हणलें, 'न्हावन येतां आनी अन्न शिजोवन घालतां, रावात! त्या दिसा देवळांत आयिल्ली तेन्ना न्हावन आयिल्ली न्हय हांव! मागीर तर जेवतले न्हय?'

तरीकूय तो कांयच उलयलो ना. आतां ही तर हटाक पेटल्या. जेवचोना म्हणल्यार कितें करतली ती? रडटली? ह्या विचारांनी तो अस्वस्थ जालो. जेवतलो म्हणल्यार आतांच रांदून वाडटली. सदांच रांदून वाडटां म्हणल्यार कितें करपाचें? सगळ्या गांवांत ही खबर पातळटली. कळ्ळें जाल्यार कितें जातलें? अकस्मात ताका राग आयलो. भायर वचचें आनी चारूय वाटेन खोंप लासून गांवांतल्या घरांत वचचें अशें ताका दिसलें. मनांत आयलें - घराकडेन वचपाचें, नवें जानवें घालपाचें आनी अनवाळ्यान देवाची पूजा करपाची.

मातंगी उठून उबी रावली आनी म्हणूंक लागली, 'मातंगीक न्हावंक येना अशें तुमी समजूं नाकात. आंग सामकें घांसून घांसून न्हातां. माथ्याक रिटो लावन केंस धुतां मागीर पळयात. ब्राह्मणाचे बायलेवरी हांवूय कशी गोरी जातली ती. हांगाच रान्नीर शिजोवन घालतलीं. मातंगीच्या हातचें जेवण एकफावटी जेवन तरी पळयात कशें रुच्चीक रांदता तें.' आनी दार उक्तें करून भायर गेली. शेजराच आशिल्ल्या कुंडात ती देंवली. उदकाच्या आवाजावयल्यान कळटालें. ताका तें आयकून खूब राग येवंक लागिल्लो. खोंपीक उजो लावचो अशें दिसलें. आयज हे मातंगीचे हातचें जेवण जेवल्यार सगळें सोंपलेंच. दर्भान जीब सात फावटी लासल्यार लेगीत पाप वचचें ना. कामतृप्तीखातीर कोणूय खंयचेय बायलेक लागीं घेवंक शकता. पूण भोजन, संस्कार आनी जोडीदार म्हूण आपल्याच कुळांत जल्माक आयिल्ली जाय. तो उठलो. तिणें परतें भितर येवचें न्हय म्हूण ताणें खोंपीचें दार बंद केलें. भितर सांखळ नाशिल्ली म्हूण ताका लाकडाचो आडो लायलो. फाटोफाट मनांत

विचारूय आयलो, आयज तिका हांव कित्याक सोदतालों? ताका कांयच येवजना जालें. आपूण कितें करतालों तें तरी ताका खंय कळटालें. बुद्धी भ्रश्ट जाल्ली. तेवटेन वचपाचें आनीक कारण तरी कितें आशिल्लें? खूब फावटी अशें घडलां खरें. ही जाप फटीची नाशिल्ली. तूं रागार जावन गेल्ली तेखातीर, 'तुका पळोवंक, मेळपाक आयिल्लों.' अशें सांगिल्लें तेंच खरें आसतलें. तिका कित्याक सोदीत गेलों? कामतृप्तीखातीर? फाटल्या आठ-धा वर्सांत ताची इत्सा ना जावन गेल्ली. आतांय जायना. इतलो वेळ मुखार बसून आशिल्ली. भुजांक धरून म्हऱ्यांत ओडिल्ली जाल्यार ती नाका म्हणची नाशिल्ली. ती न्हयकार दितली आशिल्ली काय ना कोण जाणा, पूण म्हज्या मनांत मात तसो विचार आयलो ना आनी इत्साय जाली ना. तशें आसतना हांव तिका सोदूंक कित्याक गेल्लों?

ताका कांयच येवजलें ना. भायर ती न्हाताली हाचो आवाज आयकूंक येतालो. 'स् स् स्स्' असो आवाज काडीत आनी छप् छप् असो आवाज करून ती आंग नेटान घांसताली. परती परती बुडून वयर येताली. रातीच्या थंड वाऱ्यांत कितलो वेळ हिचें न्हाण चल्लां. ब्राह्मणाचे बायलेवरी गोरी जायमेरेन हिगेलें न्हावप जावचेंनाशें दिसता. मांगपण वचून ब्राह्मणपण येवपाखातीर असो कितलो वेळ न्हाण घेवंक जाय म्हूण कोण जाणा! पूण ब्राह्मणी जावपाखातीर गोरी कित्याक जावंक जाय? सगळ्यो ब्राह्मणाच्यो बायलो खंय गोऱ्यो आसतात? म्हजी घरकान्न, वेंकटेशाची आवय, काळीच आशिल्ली न्हय - हाची वेंकटरमणय्याक याद जाली. हे मातंगीक ब्राह्मणी करपाक जायना? - असो विचार मनांत आयलो. कित्याक शक्य ना? वसिष्ठ ब्रह्मर्षीन मातंग समाजांतल्या अरुंधतीकडेन लग्न जावन तिका परम-ब्राह्मणी केली ना. वसिष्ठाच्या तपाची शक्त तितली प्रबळ आशिल्ली. हांवेंय मातंगीकडेन लग्न जावपाक जाय. लोकांक जाहीर करपाक जाय की हांवें तिचेकडेन लग्न केलां. सदांच होम करूंक जाय. तातूंत सहधर्मिणी म्हूण तिका शेजरा बसोवंक जाय. तिकाय यज्ञोपवीत घालून गायत्री मंत्राचो उपदेस करपाक जाय. हांव गांवांत नासतना हविस अर्पीत करपाचो अधिकार तिका प्राप्त जावंक जाय. ही खोंप पर्णशाळा जावंक जाय. हें म्हजें वानप्रस्थ जिवीत.

ह्या विचारांनी तांच्या मनांत विपरीत धिटाय आयली. मातंगीचो न्हावपाचो आवाज आयकूंक येनाशिल्लो. तिगेलें न्हाण जालें आसतलें. न्हेसूंक दुसरी साडी नाशिल्ल्यान लजेवन तशीच उबी रावल्या आसतली. ओल्या कपड्यांतूच ब्राह्मणाचे नदरेन खरें अनवाळेपण आसता. तातूंत अशें संकोच धरपाचें कारणूच ना अशें तिका सांगूक जाय म्हूण हातांत लापयांव घेवन, दाराक लायिल्लो आडो

पांयानी धुकलून ताणें खोंपीचें दार उक्तें केलें आनी भायर पळयलें. जाल्यार भायर कुंडाकडेन मातंगी नाशिल्ली. तिच्या पांयाच्यो खुणो दिसताल्यो. ती खंय गेल्या आसतली काय एका खिणांत, ताणें लक्ष दिवन पळयलें. भाटाचे वयेंचे गेटीकडेन तिची अस्पश्ट आकृती दिसली. लापयांव उखलून ते दिकेन धांवन ताणें उलो मारलो, 'मातंगी'. सुण्यान घांस मारिल्लो पांय दुखतालो. तरीलेगीत बेगबेगीन ताणें पावलां घालीं. ती रावलीच ना. फाटल्यान वळून पळयलें लेगीत ना. कांयच आयकूंक येवंक नाशिल्लेवरी ती चलताली. आनी उपरांत चलपाचो वेगूय वाडयलो. पांय दुखता आसतना ताणें धांवन वचून तिचो ओलो पदर धरलो.

'म्हाका सोडात, अशे आफूड नाकात म्हाका.' अशें म्हणून तिणे आपलो पदर सोडोवन घेतलो.

'अशी अकस्मात कित्याक हांगाच्यान गेली?' वेंकटरमणय्यान विचारलें.

'पिवन आपले खोंपीत न्हिदिल्ली आसतना जादूमंत्र करून कशेतरेन म्हाका भाटांत घेवन येवप हें कितें बरोबर? जातवाल्यांनी पळयल्यार कितें म्हणटले? तुमगेल्या जातींतले लोक ओगी रावतले आशिल्ले?'

'जातीचो भंय नाका. तुकाच ब्राह्मणी करतां यो.' ती व्हडल्यान हांसली. आतां तिच्या तोंडातल्यान सोऱ्याचो दुर्गंध येनाशिल्लो. दोळ्यांतली तांबसाण देंविल्ली. चेहऱ्यावयले भाव बदलिल्ले.

'मांगजातीचे बायलेक ब्राह्मणी कशी करपाक जातली? म्हजी साडी सोडात. हांव वतां.' अशें म्हणत नेटान पदर ओडून मुखार वचूंक लागली. धा-बारा पावलां वचून ती परती फाटल्यान वळून म्हणूंक लागली, 'हाचेउपरांत असो जादू मंत्र करून म्हाका हांगा घेवन येवंनाकात. तुमची आब्रू वतली.' अशें सांगून परती वळून झरझरीत वचपाक लागली.

ताका आर मारिल्लेवरी जालें. ती गेली ते दिकेक पळयत उबो रावलो. लांपयांवाचो उजवाड. धा हातापरस चड अंतराचें कांय दिश्टी पडनाशिल्लें. तिची आकृती पयस व्हाळाकडेन दिसनाशी जाली. तो हातांत लापयांव घेवन भायलें दार धांपून खोंपीत परतलो. तकली एकतरेन दुखताली. रात्तीवयल्या उदकाक खतखतो येतकूच जशें वयलें उदक सकयल आनी सकयलें उदक वयर येता तशें तकलेंत सगळें वयर-सकयल जावंक लागलें. सुस्त न्हिदनशें दिसलें. खोंपीचें दार धांपलें आनी सकयल साकाचेर न्हिदून पांघरूण पांगरूंक घेतलें. मात्शा वेळान ताका न्हीद लागली. कसलींतरी सपनां पडलीं पूण तांचो अर्थ कांयच कळ्ळो ना.

सकाळीं ताका जाग आयली तेन्ना वताचीं तीव्र किर्णां दाराचे खांचींतल्यान भितर आयिल्लीं. उठून बसतनाच ताका पांयाची दूख जाणवली. पोंवटेचेर बांदिल्ली साडयेची पट्टी दिसली. ती पट्टी सोडोवन ताणें आनीक बारीक बारीक कुडके केले आनी दोनूय हातांनी चिड्डून लाडू कसो केलो आनी खोंपीभायर येवन भाटाचे वंयेवयल्यान शेंवटून उडयली.

## 4

म्हारवाड्यांत वेंकटरमणय्यान शेणा-लोळ्यांचो मार खाल्लो, ही बातमी गांवभर पातळ्ळी. चडावत लोकांनी वेंकटरमणय्याची बाजू घेवन म्हारांक दोश दिलो. पिशेपणान ते गेले. ते कितें जाय म्हूण गेल्ले? वेंकटेशान बापाय म्हऱ्यांत येवन विचारलें, 'अप्पा, तुमी थंय कित्याक गेले? तो म्हारवाडो, तशें करप न्हय हें तुमकां कळ्ळें ना?' ताचेर ते कांयच उलयले ना. आपल्याक तें आयकूंक आयलें ना अशें दाखोवन दिलें. वेंकटेशानूय मागीर उतरां वाडयलीं ना.

सुमार वीस दीस जावन गेले. दनपारचो वेळ. वेंकटरमणय्या माडामुळांत सावटाक बसून कुंडातल्या उदकाकडेन टक लावन पळयतालो. इतल्यांत पावलांचो आवाज आयकूंक आयलो. वळून पळयत जाल्यार बेट्टय्या येतालो. सदांच्याच भेसांत. खादीचें पुडवें, खादीचो कोट, धवी तोपी, पांयात तांगेल्याच लोकांनी केल्ल्यो व्हाणो. येनाफुडें बेट्टय्यान ताका नमस्कार केलो आनी तीन हात पयस एका उंचायेर बसलो. वेंकटरमणय्यानच विचारलें, 'बेट्टय्या कसो आसा?'

बेट्टय्याक अजाप दिसलें. सगळो गांव म्हणटा, देवळांतलो पुरोयत पिसो जाला. पूण आतां ताका पळयल्यार तशें दिसनाशिल्लें. बेट्टय्यान विचारलें, 'तुमी भाटांत कित्याक रावपाक लागल्यात?'

'आनी कितें करूं!' तांगेल्या जापेन अशें दिसलें, की ते म्हणपाक सोदतात, 'आतां गांवात तरी कितें आसा?' वेंकटरमणय्यान परतें विचारलें, 'तुगेलो चलो आनी चली कशीं आसात?'

'चली हेच गांवातले मिडल स्कुलांत शिकयता. स म्हयने जावन गेले. तुमकां कांयच खबर ना?' ताका खऱ्यांनीच खबर नाशिल्ली. ह्या भाटांत येवन रावंक लागल्यार तीन-चार म्हयने जाल्ले. तेखातीर ह्या तीन-चार म्हयन्यांत गांवात कितें घडलां जावं घडटा हें कळनाशिल्लें. कोणाकडेनूच उलोवपाची

इत्साच जायनाशिल्ली. 'चलो तुमकूरांत वेवसाय करता.' अशें बेट्टय्यान सांगलें.

'चल्याचें लग्न केलें?'

'लग्न जावचो ना अशें म्हणटा.'

'आमच्या वेंकटेशापरस दोन-तीन वर्सांनी व्हड आसा न्हय?'

'इकुणतीस. म्हजें नशीब. तुमी आमच्या वाड्यार आयिल्ले खंय?'

हो प्रश्न आयकून वेंकटरमणय्याचो चेहरो सामको देंवलो. पूण बेट्टय्यान ताचेकडेन लक्ष दिलें ना. बेट्टय्यान मुखार म्हणलें, 'हे आमचे जातींतले लोक केन्ना मुखार येतले म्हूण कोण जाणा! सोरो पियेंवनाकात म्हूण सांगलें जाल्यार हांव गांवात आसल्यार पिनात इतलेंच. हांव नाजाल्यार रस्त्यार बसून हरव्यो मिरसांगो तोंडाक लावन ताचेर भरपूर सोरो पितात. आमचेच जातींतले बरे आसात. उजवो हातवाले म्हजें आयकनात. ब्राह्मण आमचे वसतेंत आयल्यार लक्ष्मी रागार जावन वता खंय. ब्राह्मण आपले वसतेंत तांकां येवंक दिनात हे भावनेंतल्यान तांणीय आमचे वसतेंत येवचें न्हय म्हूण ही घडयिल्ली कथा आसतली. तुमकां कितें दिसता?'

वेंकटरमणय्या ताचें विवरण आयकतालो. पूण जाप मात दिनाशिल्लो. बेट्टय्यानूच म्हणलें, 'इतले रातीं येवपाची बुद्द कशी आयली?'

वेंकटरमणय्यान आतां तोंड उक्तें केलें 'तुका सगळें खबर आसतलें, बेट्टय्या!'

कांयच कळनाशिल्लेवरी बेट्टय्या ताच्या चेहऱ्याकडेन पळोवंक लागलो. आपल्याक खबर आशिल्ल्यो गजाली खंयच्यो? बेट्टय्यानूच मागीर विचार करून म्हणलें. 'तुमगेले चलयेविशीं म्हाका विचारूंक आयिल्ले? कितले दीस मन घट उरतलें?'

खरी गजाल बेट्टय्याक सांगून मेकळें जावपाचें अशें ताणें थारायिल्लें. पूण आतां बेट्टय्यानूच वेगळीच वाट दाखोवन दिली. तोवूय ताच्या मनाचेर जाल्लो व्हडलो घाय आशिल्लो. बेट्टय्याच्या उलोवपान मनाचो घाय आनीकूय दुखूंक लागलो. 'तें आतां कशें आसा बाब?'

'तें तशें आसा.' अशें म्हूण ताणें जाप मदींच थाबयली.

'कित्याक, सांग बाब, म्हजेपसून कांयच लिपोवंनाका.'

सांगचें काय सांगचें न्हय ह्याच विचारांत एक मिनीट वगडायलें आनी मागीर बेट्टय्यान सांगलें, 'आतां तें कॉलेजींत शिकयना.'

'कित्याक?'

'शूद्राकडेन लग्न जातलें हें कळटकूच तांणी ते कॉलेजींतल्यान सत्याक काडून उडयलें खंय.'

'पूण लग्न जावं नाशिल्लें न्हय?'

'खरी गजाल तशी न्हय. त्या दिसा तुमी सत्याक व्हाणांनी मारलें आनी सगळोच बोवाळ केलो. तेन्ना घरमालकाक कळ्ळें. तेखातीर घरमालकान रुम सोड म्हूण सांगलें खंय. आपूण रुम सोडचेंना अशें सत्यान सांगलें. तेखातीर घरमालकान वचून कॉलेजींत सांगलें आनी तागेली नोकरीलेगीत गेली.'

'आता कितें करता तें?'

बेट्टय्या ताका सांगपाक अनमनलो. 'सांग बेट्टय्या', ताणें परतो आग्रो केलो.

'एका साडयांच्या दुकानांत तें सेल्स-गर्ल म्हूण काम करता.'

'म्हणल्यार?'

'व्हडलें कपड्यांचें दुकान. साडयो आनी बायलांचेच कपडे विकपाचो व्हडलो विभाग. रेशमी साडयो, नायलॉन म्हणटात न्हय तसलें साडयाचें दुकान. बायलोच गिरायक म्हूण येतात. तांकां चलयांनीच म्हाल दाखोवपाचो.'

'इतलें शिकिल्लें म्हगलें चली असल्या कामाक कित्याक गेलें?'

'दुसरी नोकरी खंय मेळटा? बाबड्याक कशेंय करून पोट भरपाक नाका?'

'नोकरी नाशिल्ली जाल्यार गांवांत येवंक जायनाशिल्लें? म्हजेकडेन हांगा खावपाक जेवपाक ना?'

'तुमी इतली तिडक दाखयतकूच ताका गांवांत येवपाची धिटाय कशी येतली?'

वेंकटरमणय्या गंभीर जालो. पांच मिणटां अंतर्मुख जावन तसोच बसून रावलो. मागीर अकस्मात सट् करून उठलो. खोंपीच्या दाराकडेन वचून आपल्यो पोन्नेल्यो व्हाणो दोनूय हातांत घेवन आपले तकलेचेर, भुजांचेर, हातांचेर फटफटीत मारपाक लागलो. 'आयकयात, आयकयात. शांत जायात, हें कितें करतात तुमी? नाका, नाका. शांत जायात, शांत जायात! चूक जाली म्हूण कळटकूच लेगीत शांतताय बाळगूंक जाय. महात्मा म्हणटाले...' अशें म्हणून बेट्टय्या उठून ताच्या म्हऱ्यांत आयलो. पूण ब्राह्मणाक हात लावप समा दिसलें ना. कोणाकूय उलो मारतलो म्हणल्यार लागीं कोणूच ना. हें पळोवंक जायना म्हूण निमाणें बेट्टय्यानूच आपले दोळे दोनूय हातांनी धांपले आनी उबे रावले. 'चुकलें म्हजें, चुकलें!' अशें म्हणून सुमार चाळीस-पन्नास फावटी व्हाणांनी आपल्याकूच मारून घेवन ताणें व्हाणो पयस शेंवटून उडयल्यो. तितले

म्हणसर ताच्या दोळ्यांतल्यान दुकां गळटालीं. तीं पुसून ताणें म्हणलें, 'पळय, ह्याच व्हाणांनी हांवें सत्याक मारिल्लें. आतां हांवें म्हाका मारून घेतलें. मनाक मात्शें समाधान दिसलें. आतां सांग, तुका तें मेळिल्लें? तूं ताचेकडेन उलयिल्लो? सगळें सांग म्हाका.'

बेट्टय्यान दोळे उक्ते करून पळयलें. जाल्यार ताच्या कानसुलांचेर, भुजांचेर आनी हड्ड्याचेर बारीक घाय जावन रगत येतालें. पूण त्या दिसा सत्याच्या आंगांतल्यान रगत येतालें तितलें येनाशिल्लें.

बेट्टय्यान म्हणलें, 'कसलें काम केलें तुमी? स्वता स्वताच्या देहाक केली ती हिंसा ती हिंसाच न्हय? महात्मा म्हणटाले इल्लिशीं गुलाबाचीं पानां...'

'तुगेल्या महात्माच्यो गजाली म्हाका कांयच सांगू नाका. पित्त माथ्याक चडिल्लो जाणटेलो तो. ह्या घायांनी कांय जावचें ना. म्हजे चलयेविशीं सांग.' अशें म्हणत म्हऱ्यांत येवन सुमार दोन हात अंतराचेर बसलो. बेट्टय्या लेगीत दोन हात पयसूच सरकून बसलो.

'तें साडयांच्या दुकानांत काम करता हें तुका कशें कळ्ळें?'

कांय वेळान विचार करून बेट्टय्यान सांगलें, ''मंत्री मेलगिरीगौडाच्या चल्याच्या लग्नावेळार सुनेक कपडे काडपाखातीर चलो आनी आवय-बापूय गेल्ले. हांव तांकां वाटेर मेळ्ळों. म्हजेकडेन कितेंतरी अर्जंट उलोवपाचें आशिल्लें म्हूण तांणी म्हाका गाडयेंत घेतलो. हांव ड्रायव्हराच्या म्हऱ्यांत बसलो. फाटल्या सिटार तीं तिगांय बसलीं. आवय आनी पूत तांचे उजवे वटेन बशिल्लो. कामाचें जें उलोवपाचें आशिल्लें ते उलयत आमी चिक्कपेटेंत पावलीं. थंय सत्यनारायण हॉल म्हूण व्हडलें कपड्याचें दुकान आसा. त्या दुकानाचे धनी क्कामटी समाजाचे. मंत्र्याक पळयतकूच शेटजी स्वता उठून मुखार आयले. मंत्र्यान 'लग्नाच्यो साडयो दाखय' म्हूण सांगलें. मंत्र्याक दावेवटेन घेवन वचून शेटजीन सांगलें, 'सत्यभामा, मंत्री आयल्यात. तांकां टिश्यू साड्यो काडून दाखय.' थंय पळयत जाल्यार तुगेलें चली.''

वेंकटरमणय्याचो चेहरो सामको रागीट जाल्लो. तें लक्षांत येतकीच बेट्टय्यान म्हणलें, 'तुमी ओग्गी रावन आयकतात जाल्यार हांव सांगतां. नाजाल्यार सांगना.'

'बरें सांग, हांव भेड्ड्याभाशेन फकत बसून रावतां.' अशें म्हणून आपल्या चेहऱ्याचेर समाधान दाखोवपाचो येत्न केलो.

'थंय सत्याक पळोवन तांचीं सगळ्यांचीं तोंडां देंवलीं. चलो श्रीनिवासगौडा तर थंय उबोच रावलो ना. भायर सरून आयलो. 'आमी एक दीस वेळ काडून

येतात.' अशें म्हणून मंत्री आनी बायल लेगीत थंयच्यान भायर सरली. हांवूय तांचेवांगडा भायर सरलों. मागीर तीं दुकानांत गेलींच नात. दुसऱ्या खंयच्या तरी दुकानांत गेलीं. म्हाका ताका मेळ्ळेबगर रावंक जालें ना. दुसऱ्या दिसाच एकलोच हांव त्या दुकानांत गेलों. त्याच दिसा सांजवेळा तागेल्या रुमार वचून ताचेकडेन उलयत बसलों.'

'कितें म्हणटालें तें?'

'खंयच्या विशयाचेर?'

'गांवचेविशीं, म्हजे विशीं?'

'कांयच उलयलें ना.'

'म्हजेविशीं कांयच म्हणलें ना ते चेडयेन? इतलें रागार जालां म्हजेर?'

'महाशय, रागान तुमीच आसात. ताच्या मनांत मात लेगीत राग ना. सामकें शांततायेन आसा तें.'

'ताका पगार कितलो?'

'शंबर, तातुंतल्यान चाळीस रुपये घरभाडें. सदांच बशीखातीर चार आणे लागतात. उरिल्ल्या पयशांत ताचें कशें भागतलें तुमीच कोंत करात. स्वता शीत करून हॉटेलांतल्यान धा पयशाचो सांबार हाडून खाता खंय!'

'इतले दीस जाले, म्हाका कित्याक सांगलें ना तुवें?'

'म्हजे विशीं गांवांत कोणाकूच कांयच सांगनाकात अशें सत्यान सांगिल्लें. म्हज्यान भितर दवरपाक जालें ना म्हूण तुमकां हांवें सांगून सोडलें.'

सत्याविशीं जितलें ताका खबर आशिल्लें तितलें वेंकटरमणय्यांक सांगून जातकूच बेट्टय्या नमस्कार करून थंयच्यान गेलो. वेंकटरमणय्या इतलो अन्तर्मुख जाल्लो, बेट्टय्या थंयच्यान गेलो तें ताका कळ्ळें लेगीत ना. थोड्या वेळान उठलो आनी भाटाचे वंयेचे मेरेवयल्यान झरझरीत शतपावलां मारपाक लागलो. भाटाच्या दारामेरेन येवन परतो गेलो. मदींच ताणें व्हाणो हातांत घेतल्यो आनी रागान भिरकावन वंये भायर उडयल्यो. कुंडांत हात धुवन आयलो. उपरांत निखऱ्या पांयानीं चलत देवळाकडेन आयलो. देवळाक उरफाटी प्रदक्षिणा काडून शेजरा चडणेवयल्यान सकयल देंवलो. म्हऱ्यांतच आशिल्ल्या तळ्यांत वचून आंगाची घाण वचमेरेन हात पांय धुवन वयलेवटेन आयलो. ह्या बांदाचेर आयल्यार ताका स-सात म्हयने जाल्ले. तळें पाऊण भरिल्लें आसलें तरी त्या तळ्याचें सरुप दर्याभशेन विशाल दिसतालें. मात्सो वेळ तें पळोवन ते मांग वसतेकडेन गेलो. पाउण मैल चलतकूच गांव आयलो. वेंकटरमणय्या सकयल देंवन मांग वसते म्हऱ्यांत गेलो. थंय एका

झाडा पोंदा उबो रावन 'बेट्टय्याचें घर खंयचें?' अशें व्हडल्यान आड्डी मारून विचारलें.

उलो आयकून लागसारूच शेतांत नडणी करपी एक जाण्टेली थंय आयली. सांजवेळची वेळ आशिल्ल्यान लांब पडिल्ली आपली सावळी त्या ब्राह्मणाचेर पडची न्हय हाची जतनाय घेवन पयस रावन तिणें विचारलें, 'बेट्टय्याक आपोवं?' 'हं' अशें ताणें सांगतकूच ती वसतेंत गेली. दोन मिणटांभितर बेट्टय्या थंय आयलो.

बेट्टय्या येता थंय आसा, वेंकटरमणय्यान म्हणलें, 'बेट्टय्या, फाल्यां सकाळीं बशीन तूं म्हज्या वांगडा येवपाक जाय. बेंगळूरांत म्हगेली चली खंयच्या दुकानांत काम करता थंय म्हाका घेवन वचपाक जाय.'

'रस्त्याचें, दुकानाचें नांव सांगतां. कोणाकूय विचारलें जाल्यार सांगतले. मागीर तागेल्या रुमार रावंक मेळटलें.'

'म्हाका तें कळचें ना. तुवेंच येवंक जाय बाब. तुगेलो गाडयेचो खर्च हांवूच करतां.' असो हट धरून बसतकूच बेट्टय्यान येता म्हूण सांगलें. 'वचपाचो वेळ जावचे पयलींच म्हज्या भाटांत यो.' इतलें सांगून जातकच तो तळ्याच्या बांदावयल्यान गांवांत आयलो. भाटांत रावपाक येत सावन ताणें परतो किल्ल्याच्या तटाभितर एकूय फावट पांय दवरूंक नाशिल्लो. आतां रस्त्यावयल्यान वचपी लोक तांचेकडेन अजापान पळोवंक लागिल्ले. घराच्या हुमऱ्यार उबो रावन ताणें 'वेंकटेशा' म्हूण उलो मारलो. वेंकटेश भितरल्यान भायर आयलो. अप्पाक पळोवन ताकाय अजाप दिसलें. 'म्हाका दोनशीं रुपया जाय. आतांच हाडून दी.' अशें ताणें म्हणलें.

'अप्पा, आतां कित्याक जाय पयशे? कितें विकतें घेवंक जाय?'

'सांगलां तितलें आयक आनी हाडून दी. चेडयेच्या म्हजेकडेन वाद घालता?' अशें म्हूण सामके तिडकले.

तो कांयच उलयनासतना भितर वचून धा रुपयांच्यो वीस नोटो मेजून ताणें अप्पाच्या हातांत दिल्यो. त्यो गुठलावन मुठींत घट्ट दवरून तो झरझरीत भाटांत गेलो.

## 5

दोगूय मोटारींतल्यान देंवन चिक्कपेटेच्या सत्यनारायण हॉलाकडेन पावले तेन्ना दनपारचीं बारा वरां जाल्लीं. दावे वटेन एका कोनशाक उबें रावन सत्या

एका दादल्याक पोल्काचो कपडो मापून दितालें. वेंकटरमणय्या नीट्ट चलयेमुखार वचून उबो रावलो. अचकीत अप्पाक मुखार पळोवन सत्याक अजाप दिसलें आनी तांची भ्रमिश्ठावरी जाल्ली अवस्था पळोवन भंयूय दिसूंक लागलो. चेहरो सुकून गेल्लो. तोंडार जाण्टेपण मारतालें. खाडाच्यो अर्दवट पिकिल्ल्यो केंसाच्यो खुटयो दिसताल्यो. कापनाशिल्ले अस्ताव्यस्त तकलेवयले केंस, न्हेशिल्लें पुडवें, अर्दवट पिंजिल्लें खोमीस, पायांत व्हाणो नात. चलयेक पळोवन अप्पाकूय काकुळट दिसली. सादी वायलाची साडी न्हेसून केंस वेवस्थीत वळयिल्ले आसले तरी आंग आनी तोंड सुकून ल्हान जाल्लें. जोरांतल्यान उठिल्लेवरी तें दिसतालें.

'बाय, चल तुगेल्या रुमार वचुंया.' ताणें म्हणलें.

'अप्पा, तुमी केन्ना आयले.' चलयेन विचारलें.

'तावरेकेरेचे पयले सरकारी बशीन आयले.' अशें बेट्टय्यान सांगलें.

'चल, आतांच तुगेल्या रुमार वचुंया.' बापायन आग्रो केलो.

'अर्दवरान येतां. रातचीं साडे आठ मेरेन ते सोडनात. चावी घेवन तुमी वचात. हांव मागीर येतां.' सत्याच्या ह्या उतरांनी अप्पाक राग आयलो. 'सोडनात खंय. हे नोकरेक व्हाणांनी खोंट मारून आतांच हांगाच्यान चल.' अशी ताणें आड्डी मारली. दुकानांतले हेर कामगार आनी गिरायकां, इतलेंच न्हय जाल्यार गल्ल्याचेर बशिल्लो शेटजी लेगीत तांकां वळून पळोवपाक लागलो.

बेट्टय्यान म्हणलें, 'बाय, तू अप्पावांगडा वच. आयज रजा मागून घे. अप्पाक राग येवपाक दिवंनाका.'

तें शेटजींकडेन रजा मागपाखातीर गेलें. ताणें म्हणलें, 'तशें कशें जातलें, आयज शेनवार. काल सगळ्यांक पगार मेळ्ळा. आयज सांजवेळा खूब गर्दी आसतली.'

'सांजवेळा पांच वरांभितर येतांच.' अशें सांगून तें बापूय आनी बेट्टय्यावांगडा भायर आयलें. बेट्टय्याक एम.एल.ए च्या हॉस्टेलांत वचपाक जाय आशिल्लें. 'तू खंयच वचूंनाका. म्हजेवांगडाच राव. यो.' अशें वेंकटरमणय्यान सांगतकूच बेट्टय्यान आपूण काम करून सांजेचो रुमार येतां, अशें उतर दिवन तो थंयच्यान गेलो. बापायच्या पांयांक व्हाणो ना तें पळोवन एक रिक्षा करून तांचेवांगडा रुमार गेलें. रूमाची दशा पयलीं पळयिल्लेवरीच आशिल्ली. नवें हांतूण पांगरूण कांयच ना. एक पत्र्याचो वातींचो स्टोव्ह आनी तीन ॲल्युमिनियमाचीं आयदनांच मात नवीं दिसतालीं.

‘अप्पा, जेवण तयार आसा. तुमी जेवन घेयात.’ सत्यान म्हणलें.

‘आनी तूं?’

‘हांव जेवनूच दुकानांत वतां. रातीखातीरय शीत करून वतां. उठात. हात-पांय धुवन घेयात.’

हात-पांय धुवन ॲल्युमिनियमाचे ताटलेंत शीत आनी हॉटेलांतल्यान हाडिल्लो सांबार घेवन पयली उंडी तोंडांत घालतना ताचे दोळे दुकांनी उपाट भरले. ताणें विचारलें,

‘ते चेडयेच्यांले कॉलेजींतली नोकरी वतकूच तूं नीट गांवात कित्याक आयलें ना?’

सत्यान कांयच जाप दिली ना. ‘तुमी सुशेगाद जेवात.’ अशें सांगून, दोन मिणटां भायर मान्याकडेन वचून रडलें आनी दुकां पुसून आयलें.

जेवण जातकूच तो बाजयेर बसलो. ताट धुवन, जमीन पुसली हात धुतकूच तें तांचेमुखार दवरिल्ल्या कदेलाचेर बसलें आनी ताणें विचारलें, ‘हें कितें, भुजां, हड्डें सगळेकडेन घाय जाल्यात.?’

‘घाय जाल्यात जावं दी. तितली अक्कल येतली.’

‘पांयात तरी व्हाणो घालपाच्यो न्हय? तशेच आयल्यात ते. चलात, एक व्हाणाची पार घेवंया. यो.’

‘त्यो पाडापडिल्ल्यो व्हाणो पांयात घालच्यो न्हय. त्यो व्हाणो पांयात आशिल्ल्यो म्हूण तुका त्या दिसा हांवें मारलें. म्हूण काल म्हाकाच हांवें त्याच व्हाणांनी मारून घेतलें. उपरांत त्यो व्हाणो भाटांतले वंयेतल्यान भायर शेंवटून उडयल्यो.’

‘हीं कसलीं पिशेंपणां? तुवें तुकाच कित्याक मारून घेतलें?’

‘मागीर कितें करूं? कालूच बेट्टय्यान सांगलें तेन्ना कळ्ळें, तूं कपड्यांच्या दुकानांत काम करता म्हूण. त्या दिसा तुका मारूंक नाशिल्लें जाल्यार तुगेलें कॉलेजींतलें काम वतकूच तूं नीट गांवांत येतलें आशिल्लें. इतलोय हट तुवें करूंक जायनाशिल्लो.’

सत्याक रडूंक आयलें. परतें मान्याकडेन वचून खूब रडून दोळे पुसून येवचेशें दिसलें. पूण अप्पा बागोवन फाटीवयल्यान हात भोंवडायतालो. स्वाभिमान आनी लज कुशीक दवरून तें हिमट्यानीं रडटालें. अप्पान आपलो उजवो हात फाटीवयल्यान हातार भोंवडायत म्हणलें, ‘तुका जल्म दिलो, ल्हानांचें व्हड केलें. आनीक कितें दिलें तुका? म्हाका कितें ताचें वायट दिसना? राग आयलो जाल्यार परतीं दोन लायतलों. पूण तो

नालायक तुका फसोवन, सुखान दुसरेकडेन लग्न जावन मेकळो जालो. म्हारा-मांगानी शिंविल्ल्या व्हाणांनीं ताका कित्याक मारलो ना अशें म्हाका दिसता आतां.'

'ते तयार जाल्ले जाल्यार तुमी तयार जातले आशिल्ले?'

'हांवें मान्य करपाचो, ना करपाचो प्रस्न न्हय हो. तुवें ताचेर विस्वास दवरलो हें चुकलें तुजें.'

ह्या विशयाचेर उलोवपाची सत्याची मात लेगीत इत्सा नाशिल्ली. ताणें म्हणलें, 'अप्पा, जावपाचें तें जावन गेलें. आतां तो विशय नाका. तुगेली भलायकी अशी कित्याक जाल्या ती सांग?'

तितले म्हणसर अप्पाचें लक्ष दुसरेकडेन गेल्लें. सत्याचें उलोवणें ताच्या कानार पडलें ना. दोन मिणटां ओगी बसतकूच मागीर अचकीत, 'एक चूक जाली पळय.' अशें ताणें म्हणलें.

'कितें जालें?' सत्यान भिवन विचारलें.

'बशींत बेट्टय्यावांगडा येतना ताका आफुडिल्लों. आतां न्हायनासतना जेवलों हांव.'

'अप्पा, अशें कित्याक म्हणटा? जरी बेट्टय्या बशींत नाशिल्लो जाल्यार हेर प्रवाशांच्यो जाती खंयच्यो म्हूण तुमकां कशें कळटलें? तेखातीर इतलें कित्याक भिवपाक जाय?'

'कुळाची वाट लावपी नालायक. अनवाळें-बिनवाळें कांयच ना तुका.' अशी ताणें आड्डी मारली. तांच्या ह्या वागपाचो सत्याक अर्थ कळ्ळो ना.

'यो, अनवाळें न्हेस. बदलूंक कपडेय तुवें हाडले नात.' अशें म्हणून सत्या उठलें.

तो मान्यांत गेलो आनी थंयचे बालदेक हात लायनासतना नळापोंदा बसलो. आंगावयलें पुडवें, खांद्यावयली उपरणी भिजोवन मागीर न्हालो. पुडवेंच घट पिळून ताणें आंग पुसलें, उपरणें गुठलायलें आनी रूमार येवन म्हणलें, 'तुगेली बाज, तुगेलें हातुळिल्लें, सगळ्याक हांव आफुडलों. हाचें कितें करतलें?'

हांतूण धुवन सगळो रूम धुवप सत्याकडल्यान जावचे नाशिल्लें पूण 'ना' म्हणून सांगून तिडकल्ल्या बापायक आनीक चाळोवपाक ताका नाका आशिल्लें. तेखातीर जाप दिवंक जायना जावन तें ओगी उबें रावलें. ताणेंच म्हणलें, 'हें उपरणें ओलें जालां. एक सुकिल्लो तुवालो दी.' सत्यान दिल्लो तुवालो गुठलावन तेच बाज्जेर येवन बसले.

सत्यान म्हणलें, 'वेंकटेश, जयम्मा कशीं आसात? आनी चलो कसो आसा?'

'तो बरो आसा. जयम्मा आनी तिगेले चल्याक पळयल्यार तीन म्हयने जाले.'

'म्हणल्यार?' सत्याक कांयच कळ्ळें ना.

'आता हांव भाटांत रावतां.'

'तशें कित्याक?' अशे सत्यान भिवन विचारलें.

'आसूं गो तें आतां.' अशें ताणें म्हणलें.

'वेंकटेशान वा जयम्मान तुमकां कितें म्हणलें?'

'सांगलें न्हय, आसूं दी तें सगळें. परतें परतें कित्याक विचारता? तकली जाग्यार आसा काय ना तुगेली?' अशें रागान म्हणलें.

सत्या ओगी रावलें. आनी आतां कितें उलोवपाचें, कशें उलोवपाचें हें ताका कळ्ळें ना. अप्पाचो सभाव आतां पयलेवरी ना. ओगीच तापार जातात. हांगेलें गरजनासतना तिडकुवप. रागाच्या भारांत कितेंतरी म्हणलें आसतलें आनी ताचो त्या दोगांभितर कोणाकूय राग आयला आसतलो. आनी कितेंय म्हणलें आसतलें. म्हूण रागार जावन अप्पा भाटांत रावंक गेल्यात आसतले, असो तर्क सत्यान काडलो.

'अप्पा, मात्सो वेळ आडवे पडात आनी बरी न्हीद काडात. बशींतल्यान आयिल्ल्यान पुरो जालें आसतलें.'

'पुरो जावपाक म्हाका कितें जालां? फातराभाशेन घटमूट आसा हांव.' - अशें म्हणत ताचेर परतो तापलो.

इतलीं म्हणसर चार वरां जाल्लीं. रोखडेंच भायर सरलें नाजाल्यार बस धरून पांच वरांमेरेन दुकानार पावप शक्य जावचें ना, सत्यान चिंतलें.

'हांव दुकानार वचून येतां. तूं हांगाच राव.' अशें सांगून ते भायर सरलें.

'तूं त्या कुलीच्या कामाक गेलें नाजाल्यार कितें जातलें?' वेंकटरमणय्यान विचारलें.

'हाचेर मागीर विचार करपाक जाता. तांगेल्या दुकानांत काम करतां. तेखातीर खूब गर्दी आशिल्ल्या दिसा आपणें तांकां त्रासांत उडोवप न्हय. हांव णव वरांमेरेन येता.' अशें म्हणून तें भायर सरून गेलें.

रुमाचें दार धांपून वेंकटरमणय्या बाज्जेर पांय सोडून न्हिदलो. थोड्या वेळान न्हीद लागली. जाग आयली तेन्ना बेट्टय्या दारार मारतालो. उठून दार

काडटकूच वेंकटरमणय्यांक पळयतकूच बेट्टय्यान विचारलें, ‘हें कितें? पुडवें, खोमीस सगळीं काडून पयस दवरलीं?’

‘बशींत तुका आफुडिल्लों न्हय, तेखातीर न्हावन कपडे उमळून सुकत घाल्यात.’

बेट्टय्यांक आयकून आपली चूक जाल्लेवरी दिसली. बेश्टोच आपूण हांगा आयलों अशें ताका दिसलें. बशींत ताका मुखार बसोवन बेट्टय्या फाटल्यान विंगड शिटाचेर बशिल्लो. वेंकटरमणय्यानच म्हऱ्यांत आपोवन घेतलो त्यावेळार न्हयकार दिल्यार लेगीत ‘अनवाळें-बिनवाळें सगळें फट’ अशें म्हणत हात धरून म्हऱ्यांत बसोवन घेतिल्लो. बेंगळूर येसर सामके आपुलकेन खबरो मारतालो. आनी आतां हो अशें म्हणटा.

‘हांची तकली जाग्यार ना’ अशें लोक म्हणटात तें खरें दिसता. असो विचार करून बेट्टय्यान म्हणलें, ‘बरें केलें तुमी. तुमी बसात. हांव हांगा दाराकडेनूच बसतां.’

‘कदेलाचेर बस यो. जाती-पाती सगळें फट. महर्षि वशिष्ठांच्या ब्रह्मतेजामुखार क्षत्रियत्व, शूद्रत्व, दासत्व ब्रह्मूच जाता.’ ह्या उतराचो बेट्टय्याक अर्थ कळ्ळो ना. तरी लेगीत तो कदेल मात्शें पयसूच व्हरून बसलो.

‘पळय, हांव बापूय इतलो अपुरबायेन धांवन मेळपाक आयलां जाल्यार सत्या नोकरेखातीर दुकानार गेलें. अशें वचपाक जाता?’

‘नोकरी करपाची म्हणल्यार तांचो वेळ सांबाळपाक नाका?’

‘पूण सत्याक ती नोकरी करपाक जाय म्हूण कोणें सांगलां?’

‘सोडपाक जाता. तुमकां कितें गांवांत जमनी नात? ताका गांवांत घेवन वचात.’ अशें बेट्टय्यान म्हणलें.

‘हांवूय तेंच म्हणटां.’

बेट्टय्याच्या मनांत रोखडोच एक विचार आयलो. कालसावन ते ह्याच विशयाचेर विचार करताले. हांकां सांगपाची हीच संद अशें येवजून बेट्टय्यान म्हणलें, ‘पळयात, आतां चलयांकूय बापायचे संपत्तींत समान वांटो आसा असो सरकारान कायदो केला. तुमचे जमनींतल्यो अर्द्यो जमनी देवळाच्यो आसात. उरिल्ल्यो स्वताच्यो जमनी. तशें पळोवंक गेल्यार स्वताचे संपत्तींत अर्दो वांटो चलयेक दिवंकूच जाय. आतांच दिवन उडयात. हांगा कोणाच्याय दारांत चाकरी करचेपरस गांवांत सुखान रावंदी ताका.’

हो विचार ताका सामको आवडलो. ‘शाब्बास, कितलें बरें काम हें. पूण वेंकटेशूय हुशार आसा. सरकारी कायदो आसलो तरी तो ताका जमीन दिवचो

ना. आनीक सांगपाचें म्हणल्यार लग्न जावन दुसऱ्या घरा वचपी चलयेक जमीन दिली जाल्यार जमनीचे कुडके जावन वचचे नात?'

'तशी वेळ आयल्यार सत्याक थोडे पयशे दिवन जमीन परती नांवार करून घेवपाची.'

वेंकटरमणय्याचें मन आतां त्याच विचारांत आशिल्लें. म्हूण मागीर तो कांयच उलयनासतना ओगी बसून रावलो. ताका पळोवन बेट्टय्या लेगीत ओगी रावलो. शेवटाक वेंकटरमणय्यानच म्हणलें, 'ताका एक बरो चलो पळोवन लग्न केल्यार कशें?'

'ताका तशें विचारून पळयात. तें तयार आसा जाल्यार करूंया. लग्न नाका म्हणल्यार कितें करपाक जाता?'

'चलयेचे जातीन लग्न जायना म्हणल्यार कशें जातलें?'

'करपाक नाका जाल्यार जावंनाका. हांव आश्रमांत आसतना...' बेट्टय्याचें वाक्य मदींच थांबोवन वेंकटरमणय्यान म्हणलें, 'त्या आश्रमाचें कांयच सांगनाका.'

सांजवेळचीं सात वरांमेरेन बेट्टय्या वेंकटरमणय्या म्हऱ्यांत आशिल्लो. मागीर कितें काम आसा म्हूण सांगून थंयच्यान भायर सरलो. दुसऱ्या दिसा सकाळचे गाडयेन गांवांत वतलो म्हूण बेट्टय्यान सांगलें. आपूण हांगा कितले दीस रावतलों हें वेंकटरमणय्याक खबर नाशिल्लें. ताणें ताचो विचारूय केलो ना. 'बरें बाब' अशें म्हणून वेंकटरमणय्यान बेट्टय्याक धाडलो.

सत्या णव वरांचेर रूमाचेर आयलें. येनाफुडें रोखडेच तांदूळ धुले आनी स्टोवाचेर शिजोवपाक दवरले. आनी हुळी (सांबार) हाडूंक हॉटेलांत गेलें. तें येता म्हणसर शीत शिजतालें. तें सारकें शिजतकूच सकयल काडलें. भूक ना म्हूण अप्पान सांगलें तरीकूय सत्यान आग्रो करून ताका वाडलो आनी तेंय जेवलें. तेच बाज्जेर हांतूण सारकें करून अप्पाक न्हिदूंक सांगलें आनी स्वता जमनीचेर शेंदरी घाली आनी ताचेर चादर घालून न्हिदलें.

बापायन म्हणलें, 'बाय, धा न्हय पंदरा हजार खर्च जांव पूण एक चलो सोदून तुगेलें लग्न करतां. सुखान राव.'

तें हाचेर कांयच उलयलें ना.

परतें ताणींच विचारलें, 'कितें म्हणटा?'

'लग्न नाका अप्पा, हांव अशेंच सुखान आसां. म्हजेर लग्न थोपोवंनाकात'

वेंकटरमणय्यान हो विशय चड वाडयलो ना. तसोच न्हिदून रावलो. मात्शा वेळान ताका बरी गाड न्हीद लागली. सत्या मात हेवटेन-तेवटेन कूस परतितालें.

सकाळीं उठना फुडें वेंकटरमणय्यान विचारलें, 'तुका कितल्या वरांचेर दुकानार वचूंक जाय?'

'साडेइकरांक गेल्यार पुरो.'

'हांव गांवांत वतां. म्हजेवांगडा यो आनी म्हाका बशीचेर बसय.'

'आयजूच कित्याक वतात तुमी? आनीक एक चार दीस रावात.'

'ना. म्हाका अर्जंट काम आसा. म्हाका आग्रो करूंनाका.'

'कसलें काम?'

'तुका चलयेक कित्याक जाय नस्त्यो राटावळ्यो?' अशें म्हणून रागान आड्डले.

सत्यान कांय जाप दिली ना. मोन्यांनी न्हावंक गेलें. तें न्हांवन येतकूच वेंकटरमणय्यान आपलेकडेन आशिल्ल्या पयशांतले एकशें अंयशीं रुपया काडून बाज्जेच्या कोनशाक दवरले, आनी म्हणलें, 'बाय, हे घे. बरे कपडे विकते घे.'

'अप्पा, म्हाका नाका. म्हाका पगार मेळटा तो पुरो.'

ताच्या उतरांचो बापायक राग आयलो. 'पगार मेळटा खंय ह्या गाडवाक. हांवें जल्म दिवन इतलें ल्हानाचें व्हड केलें आनी आतां पयशे नाका खंय.' अशें ताणें रागान म्हणलें.

आनीक कांयच उलयनासतना सत्यान ते पयशे घेवन आपले कडेन दवरले. उप्रांत अप्पा न्हावपाक गेलो. तितले म्हणसर सत्यान शिताक दवरलें, वचून सांबार हाडलो. ताणें न्हावन जातकूच सत्यान विचारलें, 'अप्पा, तू रागार जांव नाका. तुगेलें जानवें खंय दिश्टी पडना?'

'संन्याशाक आनी खंय आसता जानवें?'

ह्या उतरान सत्याचें मन कांचवेलें. ताणें विचारलें, 'तुमी केन्ना संन्यासी जाले?'

'जन्मांतरासावन' हे तांचे जापेन सत्याच्या मनांत जाणून घेवपाची उमळशीक आनीकूय वाडली. स्पश्ट उलयल्यार कोंताक येना म्हूण सत्या ओगी रावलें.

धा वरांच्या सुमाराक दोगांयचीं जेवणां जालीं. ताका-शिताचें जेवण सोपयतना वेंकटरमणय्यान म्हणलें, 'बाय, अशें पोटभरून जेवण जेवल्यार कितलींतरी वर्सां जालीं.'

हें आयकून सत्याचें अंतस्करण हाल्लें. अप्पा सडसडीत कांयच सांगनात. गांवात कितें घडलां, ते अशें कित्याक जाल्यात हें सांगपीय कोण ना. हांची झडटी घेतल्यार केन्ना राग येत म्हूण सांगूक जायना. बेट्टय्याक मेळोवन विचारपाचें, अशें सत्यान येवजिलें.

ऑटोरिक्षान कलासिपाळ्य बसस्टँडाचेर पावतकूच वेंकटरमणय्यान म्हणलें, 'म्हाका तावरेकेरेंत एक काम आसा. सामकी थंयच वतले बशींत म्हाका बसय.' कसलें काम म्हूण विचारल्यार रागार जातले, हाचो विचार करून ताणें मोन्यांनी ते बशीची वासपूस करून तातूंत ताका बसयलो. सत्याच्या दुकानाचो आनी रुमाचो पत्तो अप्पान बरोवन घेतिल्लो. सत्या आपल्या दुकानाचो वेळ जायसर थंय रावन मागीर थंयच्यान गेलें.

तावरेकेरेचे वकील कृष्णप्पा हांची वेंकटरमणय्याकडेन पयलींसावन वळख आशिल्ली. सांजवेळां पांच वरांचेर बशींतल्यान देंवन तो नीट कृष्णप्पाच्या घराकडेन गेलो. 'म्हजे स्वताचे संपत्तींतलो चलयेक अर्दो वांटो आसा अशें बरोवन रजिस्टर करपाक जाय. तुमीं सकाळमेरेन तशीं कागदपत्रां तयार करपाक जाय.' ताणें कृष्णप्पाक म्हणलें. ह्या उतराक 'चलयेकलेगीत सारको वांटो येवंक जाय असो सरकारी कायदो जाला. तुमी तें बरोवन रजिस्ट्रेशनाक पयशे वगडावपाची गरजूच ना.' अशें कृष्णप्पा वकिलान म्हणलें.

'म्हजो चलो खूब बुदवंत. तेखातीर खर्च जाल्यार लेगीत जाता. रजिस्टरूच करून उडोवपाक जाय.'

'तातूंत कितें, करया. सर्व्हे नंबर आनी पयशे हाडल्यात?'

'सर्व्हे नंबर सामको म्हज्या तोंडार आसा. फाल्यां सकाळीं बँक उत्ती जातकूच रोखडेच पयशे काडून हाडून दितां.'

सकाळीं वकिलान सांगिल्लेप्रमाण स्टँप पेपर हाडले. भाटांतलो उदेंतेकडलो भाग म्हणल्यार आपूण रावता ती खोंप आनी तळुलाच्या भागाकडले वट्ट देडशें माड, स एकरांतली अर्द, म्हणल्यार तीन एकर शेत, एक एकर मळो चलयेच्या वांट्याक येवंक जाय. आतां वेंकटेश रावता तें पुराय घर वेंकटेशाच्या नांवार करपाक जाय. ताचे बदला घर बांदपाखातीर, आपले बँकेतले सत्याक धा हजार वचूंक जाय. उरिल्ल्या पयशाचे दोन समान वांटे करून सत्या आनी वेंकटेशाक दिवंक जाय. इनामाच्या रुपांत मेळिल्ली जमीन मात वेंकटेशान पुजा केल्यार पुराय तागेली जातली. अशें बरोवन त्याच दिसा रजिस्टर करून वेंकटरमणय्या गांवात गेलो. गांवांतले बशींत चडचे पयलीं, यादीन बसस्टँडा मुखार आशिल्ल्या सुब्रह्मण्यशास्त्रीच्या दुकानांतल्यान वीस जानव्याचे पार विकते घेवन सुपारी दवरपाच्या आयदनांत दवरून व्हडा भक्तीभावान हातांत घट धरून बशींत चडलो.

■

# णव

## 1

सत्यनारायण हॉलाची जायरात दिसाळ्यांत दिश्टी पडली आनी सत्यान आपल्याक रोखडीच दुसरी नोकरी मेळची ना आनी तशी शक्यताय कमी आशिल्ल्यान हेच नोकरेखातीर अर्ज दिल्लो. इंग्लीश उलोवंक येता म्हूण मालकान म्हणल्यार शेटजीन शंबर रुपया पगार दिवपाचें थारायलें. नाजाल्यार णव्वद रुपया. थंय कामाक रुजू जावन खूब दीस जाले तरी ताणें दुसरी नोकरी सोदपाचो येत्न केलो ना. एकेतरेची निर्शेवणी ताच्या मनांत भरून गेल्ली.

फुडले एक तारकेचें भाडें दिवपाखातीर सत्या गेल्लेकडेन धनी केशवय्यंगारान आपल्याक कांयच खबर नाशिल्लेवरी 'तुमगेली नोकरी गेल्या म्हूण आयकल्या. काकुळट बाय तुजी. आतां खंय काम करता? भाडें दिवपाक कसलेच त्रास ना न्हय?'

'हांव खंय नोकरी करता हाचेकडेन तुमचो कसलोच संबंद ना. आनी तुमचो रुम काय हांव सोडचें ना. भाड्याची म्हाका पावती दियात. आनी मेकळे जायात.'

दुकानांत वचून काम करपाक सुरवेक मानसिकच न्हय तर शारिरीक त्रासूय जाताले. सदांच एकेच जाग्यार साडेआठ-णव मेरेन उबें रावन वा भोंवन काम करचें पडटालें. कितल्योतरी साडयो, कपडे खणांतल्यान काडपाच्यो गिरायकांक सोडोवन दाखोवपाच्यो, गिरायकांच्या शंबरेक प्रस्नांक जापो दिवपाच्यो, आनी परत्यो सारक्यो घडयो करून खणांत दवरपाच्यो. एका सप्तकभरांत सामकें पुरो जावन गेल्लें. 'आयजवेर आपणे घेतिल्लें शिक्षण आनी पोटाखातीर आपूण करता तें काम हाचो कसलो संबंद? कसलें सार्थक जालें?' असले प्रस्न मनांत उप्रासताले.

नोकरी मेळसर एक भंय आशिल्लो. नोकरी मेळटकूच मनांत खूब प्रस्न उप्रासपाक लागले. कशीय करून जेवणाची, रावपाची समस्या सुटली. आतां कितें? हांवें हांगा कित्याक रावपाचें? मुखावयली दिका खंयची? विसरपाचो कितलोय येत्न केल्यार लेगीत श्रीनिवासाची याद, विचार मनांतल्यान

वचनाशिल्ले. विचार येताले ते ताणें अशें कित्याक केलें? आतांच एक दीस म्हैसूरांत वचून येवं? असो विचार येतालो. पूण तागेलें मेळिल्लें पत्र आनी म्हैसूरांतली पयल्या भेटींची याद येताली तेन्ना मेळपाचो विचार सोडून दितालें.

कॉलेजीचें काम सोडटकीच मुद्देगौडा आतऱ्या पयऱ्यान सत्याच्या रुमार येतालो. जात-पात, धर्म, समाज सुदारणा असल्या विशयाचेर उलोवणीं करतालो. आतां सत्याक ह्या विशयाचेर चर्चा करपाक बेजार येतालो. पयलीं तें विचार करतालें, चर्चा करतालें हाचे भायर नवो मुद्दो असो काय तागेल्या उलोवपांक नाशिल्लो. तरिकूय तागेल्या उलोवपांत कितेंतरी पूरक उलोवपाइतलीय उमेद ताच्या मनांत उरूंक नाशिल्ली. जाती वेवसायावयल्यान आयल्यात. आतां त्यो आर्थीक रचणुकेंत शेळ्यो जावन दसून बसल्यात अशें ताचें सांगणें. ह्या विचारांचेर सत्याक मात लेगीत विस्वास नाशिल्लो. पूण अशें कितें तरी म्हणून चर्चा वाडोवपाची सत्याच्या मनांत मात लेगीत इत्सा नाशिल्ली. ताणें कितेंय सांगल्यार लेगीत ताका हयकार दितालें आनी मात्शा वेळान तोय उठून वतालो.

सत्याक गावांतली खबर जावं श्रीनिवासाच्या घरांतली खबर सांगपी कोणूच नाशिल्लो. कशेंय करून तांचेविशीं जाणून घेवपाची ताका इत्सा जाताली. एम.एल्.ए च्या हॉस्टेलांत वचून बेट्टय्याक मेळपाची इत्सा परती परती जाताली. पूण कसलोतरी स्वाभिमान आड येतालो आनी कोणाकूच पळोवपाक नाका म्हूण तें ओग्गी बसतालें.

दुकानाचेर कामाक लागल्यार सुमार तीन म्हयने जाल्ले. तें उंची साडयांच्या विभागांत काम करतालें. एक दीस श्रीनिवास, तागेलो बापूय-आवय दुकानांत आयलीं. तांचेवांगडा बेट्टय्या लेगीत आशिल्लो. श्रीनिवासान सिल्काचो शर्ट आनी टेरिलिनाचें पॅन्ट घाल्लें. पूण बारीक जाल्लो. सत्याक पळयतकूच ताच्या तोंडांतल्यान उतर सुटना जालें आनी एक मिनीट लेगीत रावनासतना दुकानांतल्यान सडसडीत भायर आयलो. तागेले आवय-बापूय आनी बेट्टय्या लेगीत थंयच्यान भायर सरलो. तीं हांगा कित्याक आयिल्लीं हें सत्याक कळ्ळेंच ना. कपड्याच्या दुकानांत कपडे घेवंक आयिल्लें हें खबर आसलें तरी कसल्या समारंभाखातीर कपड्यांचे खरेदीक आयिल्ले हाचो ताका अदमास आयलो ना.

दुसऱ्या दिसा त्याच वेळार बेट्टय्या दुकानाचेर आयलो. 'बाय, तुमी हांगा कामाक आसात हें म्हाका खबरूच ना. खंय रावतात तुमी?' - अशें बेट्टय्यान विचारलें.

'पयलीं रावतालें थंयच.'

'तेन्ना आयिल्लों. सारकी याद जायना. नंबर दियात. कशें येवपाचें थंय सांगतात? रूमार तुमी कितल्या वरांचेर आसतात?' अशें बेट्टय्यान विचारलें.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं आठ वरांचेरूच तो तागेल्या रुमार आयलो. सुख-दुख्खाची वासपूस करतकूच, 'कपड्याचे दुकानांत कित्याक काम करतात?' अशें बेट्टय्यान विचारलें.

सत्यान कॉलेजीचें काम गेल्ल्याचें विस्तारान सांगलें.

'अशें जालें म्हूण गांवांत वचून घराकडेन सांगू?' बेट्टयान विचारलें.

'नाका' अशें ताणें स्पश्टपणान सांगलें.

एक मिनीट विचार करून बेट्टय्यान विचारलें 'तुमचेखातीर आनीक खंयतरी विंगड नोकरी पळोवं? कॉलेजींत बिलेजींत?'

'बेट्टय्या, आतांच्या तेंपार वशिल्याबगर नोकऱ्यो मेळनात हें म्हाका खबर आसा. तुमी वशिलो लावन नोकरी मेळोवन दितात जाल्यार हांव नाका म्हणना. जाल्यार खरें सांगात. काम मेळोवन दिवपा इतली शक्त तुमचेकडेन आसा?'

'तशें म्हणल्यार कितें बाय.'

'तुमी नोकरी दिवपाक सोदल्यार लेगीत मेलगिरीगौडाक सांगून तागेले वळखीन. म्हाका ताची आवड ना.'

'कितलो मूर्ख हांव! इतलें लेगीत म्हाका कळ्ळें ना.' अशें म्हणून बेट्टय्या ओग्गी रावलो. आनीक कितें तरी सांगपाचें अशें ताचे मनात आशिल्लें. सांगू कांय नाका असो विचार करून करून शेवटाक ताणें म्हणलें, 'काल तीं सगळीं दुकानांत कित्याक आयिल्लीं खबर आसा तुका?'

'कपडे विकते घेवपा खातीर आसतले.'

'श्रीनिवास गौडाचें लग्न थारलां. मंड्याचे एम.एल.ए केंपण्णा खंय. व्हडलें कूळ. तागेली चली खंय.'

आयकतकूच सत्याची तकली घुंविल्लेवरी जाली. कदेला फाटल्यान आशिल्ले वण्टीक तकली तेंकोवन एक मिनीट साबुद्दीर नाशिल्लेवरी बसून रावलें.

सत्याक घुंवळ आयिल्ली बेट्टय्याक कळ्ळें ना. ताणें परतें म्हणलें, "लग्न थारिल्लेंच म्हाका खबर ना. तुमचें दोगांयचें लग्न जातलें ह्याच विचारांत हांव आशिल्लों, तुगेल्या अप्पान न्हयकार दिल्यार लेगीत हें लग्न जातलें अशें म्हाका दिशिल्लें. मेलगिरीगौडा मुखार सरून हें लग्न लावन दितलो असो म्हजो अदमास आशिल्लो. तशें हांवें तांकां विचारिल्लें. त्या उतराक तांणी म्हणिल्लें 'बेट्टय्या, हांव आयजलेगीत तांचें दोगांयचें लग्न लावन दिवंक तयार आसां. तिगेल्या बापायचो आनी भावाचो विरोध आसा. सत्याचो बापूय आपूण जीव दितलो

म्हूण हट धरून बसला. कितें करतलो ताका? जें कितें जावपाचें तें अहिंसेन जावपाक जाय. हिंसेन जावपाक जायना. महात्माजीन कितें सांगलां?'

'हय तांणीय तेंच सांगलां.'

सत्याक हातुंतलें कांयच समजलें ना. समजून घेवचें अशेंय ताका दिसलें ना. हेविशीं विचारूय करचो न्हय अशें कितलेंय थारायलें तरी एक प्रस्न परतो सत्याच्या मनांत उबो रावतालो. श्रीनिवासान पत्रांत बरयिल्लेप्रमाण एकाद्रें श्रीनिवासाचें मन जाती-भेद मानता दिसता. पूण फकत तीन-चार म्हयन्यांभितर तो दुसरे चलयेकडेन लग्नाक कसो तयार जालो? पयर आवय-बापायवांगडा तोय आयिल्लो. चलयेखातीर साडयेची खरेदी करपाक आयिल्ले आसतले. म्हणल्यार इतले बेगीन ताका म्हजो विसर पडलो?

तिरस्कारान सत्याच्या आंगाच्यो ल्हायो जाल्यो. मुखार बेट्टय्या कितें उलयलो, सत्याक कळ्ळें लेगीत ना. धा वरांचेर असेंब्लीक वचपाक जाय म्हूण बेट्टय्या मात्शावेळान थंयच्यान भायर सरलो.

मन तिडकीन फडफडटालें. त्या दिसा दुकानार काम करपूय ताका शक्य जालें ना. जिवाक बरें दिसना, जोर आयला अशें सांगून, दनपरां तीन वरांचेर थंयच्यान भायर सरलें. सत्याच्या मनांत खूब विचार येवंक लागले. तो हांगाच बापाय म्हऱ्यांत रावता. आतां ह्या खिणाक वचून ताचेमुखार उबें रावपाचें. 'इतलें सवाय दिसलें तुका हांव?' म्हूण विचारपाचें. जाप दिलीना जाल्यार शर्टाच्या कॉलराक धरून हालोवन, 'उलय' अशें म्हणपाचें. तागेले आवय-बापूय, ताची बाजू घेतले. घेतले न्हय, घेतलेच. तागेल्या बापायकूय विचारपाक जाय, तुमी गांधी-आश्रमांत रावन आयल्यात न्हय? आतां सांगात, असो अन्याय करप समा आसा व्हय? ह्या विचाराचे तिडकीसरशीं तें हाय-ग्रावंडाचे दिकेन गेलें. सुमार चार फर्लांग तेच तंद्रेत चलून वतकूच ताका अकस्मात पुरो जालें. आनी म्हऱ्यांत आशिल्ल्या एका सोंपणाचेर वचून बसलें. रडपाक येवंक लागलें. पूण रडचें न्हय म्हूण ताणें दुकां आडायलीं. रोखडेंच ताका मेळपाक जाय. आनी ताचेमुखार वचून उबें रावपाक जाय. एक रुपय खर्च आयल्यार लेगीत जाता. ऑटोरिक्षा करून वचपाक जाय. अशें ताच्या मनांत आयलें तरी उठून वचपाची शक्त सत्याच्या आंगात नाशिल्ली. तागेलें मनूच ताका साथ दिनाशिल्ल्यान आंगात निर्शेवणीच भरली. एका वरापरस चडवेळ ओग्गी तें थंयच बसून रावलें. मात्शा वेळान ताच्या मनांत दुसरो विचार आयलो. ताणें म्हजेकडेन लग्न जावपाक न्हयकार दितकूच तो कोणाकडेनूय लग्न जालो म्हूण कितें जालें? ताचेमुखार तिडकून हांवें कित्याक कमीपण

घेवपाचें? कमीपण, विनवणी, काकुळट हाका हांवें कित्याक वाट दिवपाची? त्या विचारासरशीं तें उठलें, आनी आपल्या रुमाकडेन वतल्या बसस्टँडाचे दिकेन चलूंक लागलें. पंदरा मिणटां जालीं तरी बस आयली ना. आतां रुमार वचून कितें करपाचें? म्हूण तें मोन्यांनी चिक्कपेटेंतल्या दुकानांकडेन चलत आयलें.

'बरें नाशिल्लें म्हूण सांगतालें न्हय?' अशें शेटजीन विचारलें.

'कोडोपिरीन घेतली. मात्शें बरें दिसता म्हूण आयलें. सांजवेळा बेगीन वतां.' अशें सांगून आपल्या कामाच्या जाग्यार गेलें.

आठ दिसांनी लग्नाची बातमी आनी फोटो खबरेपत्रांत येतकूच ताचें मन परतें एकफावटी तिडकीन सणसणलें. लग्नाच्या माटवाक उजो लागून हीं घोव-बायलां मेल्ल्याची खबर दिसाळ्यांत येवंक जाय आशिल्ली. नाजाल्यार दोगांय हनिमूनाक उटी वा मद्रासाक वतलींच, थंय दोगांय जाणां अपघातांत मेल्ल्याची खबर दिसाळ्यांत व्हड अक्षरांत येवंक जाय - अशें म्हूण त्या दिसा सांजवेळां ताचें मन गाळी घालपाक लागिल्लें. अकस्मात मागीर सुद्दीर आयलें. शी! हीं कसलीं पिशेंपणां म्हजीं? आतां ताचेकडेन कसलोच संबंद नाजाल्यार ताचेविशीं वायट विचार कित्याक करूंक जाय? अशें सत्याक दिसलें.

दुसऱ्या दिसा सत्यान दुकानांतल्यान मुद्देगौडाक फोन केलो आनी सांगलें, 'फाल्या सकाळीं इकरा वरांचेर तुमगेल्या वाचपघरांत येतां. म्हाका कांय पुस्तकां जाय. म्हाका तुमच्या नांवार घेवन दितले?'

'यो' - ताणें म्हणलें.

'तुमच्या नांवार म्हाका पुस्तकां दिल्यार तुमचेर कांयच आक्षेप येवचो ना न्हय?'

'तुमी ताचो विचार करूंनाकात. चडकरून कितें करतले? तुगेलें-म्हगेलें नांव एकमेकांकडेन जोडटले. इतलेंच.' अशें म्हणून रोखडेंच ताणें उलोवप मदींच थांबोवन आपूण चुकीचें उलयलो म्हूण जीब चाबून म्हणलें, 'सॉरी, म्हाका माफ करात. तुमी कॉलेजींत येयात, तुमकां पुस्तकां घेवन दितां.'

## 2

अप्पा भाटांत कित्याक रावतात हाची जाप सत्याक मेळ्ळी ना. एक दीस अप्पा तागेल्या रुमार राविल्लो तेन्ना एक गजाल सत्याच्या लक्षांत आयिल्ली. ती म्हणल्यार हालींसरा ताचो मनावयलो ताबो रोखडोच वता. घराकडेन अशेंच

कितेंय तरी जावन झगडीं जाल्यांत दिसता. वेंकटेशानूय राग येतकीच परत्यापरतीं उतरां दिलीं आसतलीं. ताचे बायलेक - जयम्माकूय तांगेलो राग सहन जालो ना दिसता. खरें म्हणल्यार कोणाच्याय मदेंकात पडपी न्हय असो तिचो सभाव. पूण ती घरची सून. म्हणटकूच केन्ना कितें बदलत म्हूण सांगूंक जायना. तिची भलायकीय अशीच आसा, म्हूण दोन-तीन दीस सत्या ह्याच विचारांत बुडिल्लें. आपणे तरी एक दीस गांवांत वचून खरी गजाल जाणून घेवंक जाय असो विचार सत्याच्या मनांत आयलो. पूण गांवात वचपाची ताची तयारी नाशिल्ली. वेंकटेशान तरी एक फावट येवन पळोवन वचूंक जातालें. पत्र तरी बरोवपाक जातालें. नाजाल्यार बेट्टय्याकडेन चवकशी करपाक जाताली. जातीविशींचीं ताचीं मतां काय सत्याक अपरिचीत नाशिल्लीं. कितेंय आसलें तरी भयण-भावाचें नातें अंतस्करणांत नाशिल्ल्यान ताणें आपली अशी उपेक्षा केली. अशे परिस्थितींत आपूण जावन गांवांत कशें वचपाचें? आतां तोच घराचो यजमानूय आसा. थंय वचून कशें रावपाचें? अशें म्हणून तें ओग्गी रावलें.

सत्याकडेन दोनूच साड्यो आशिल्ल्यो. त्योय पिंजिल्ल्यो आनी तेशिवाय ताचेकडेन दुसऱ्यो साडयो नाशिल्ल्यो. ह्या गांवात येतना जितलीं हातुणां आशिल्लीं तातूंत आनीक भर पडूंक नाशिल्ली. अप्पान दिल्ल्या एकशें अयशीं रुपयांतल्यान वीस, वीस रुपयांच्यो दोन साड्यो, पंचवीस रुपयांचो एक रग, धा रुपयाक एक बॅडशीट, दोन घागरे, चार पोल्कां शिंवून घेतलीं. खंयच्याय प्रसंगार उपेगी पडटले म्हूण उरिल्ले पयशे आपलेकडेन दवरले.

अप्पा येवन गेल्यार म्हयनो जाल्लो.

असेंब्ली सुरू जाल्ली. एक दीस सकाळीं आठ वरांचेर एम.एल.ए. च्या हॉस्टेलांत वचून बेट्टय्याक मेळून गांवांविशीं विचारलें. 'अप्पा, कित्याक भाटांत रावतात? तांकां पावला कणकणी राग कित्याक येता?' हेंय विचारलें.

'तांचे तकलेचेर परिणाम जाला खंय. 'देवळांत कितें आसा पूजा करपाक, तो एक फातर' अशें म्हणटात खंय. मात्शे रागारूय जातात खंय. एकेक फावटी आतां एकेभाशेन उलयतात. मागीर ताचो विसर पडून सामकें दुसरेंच कितेंतरी उलयतात.'

'खऱ्यांनीच तांचे तकलेचेर परिणाम जाला अशें म्हणटात तुमी?'

'तसो परिणाम जावंक ना. पूण भ्रमिश्ठावरी वागतात ते.'

'तुमी गांवांत वतले तेन्ना वेंकटेशाक मेळून सगळें विचारून येवपाक जाय. केन्ना वचपाचे आसात?'

'शेनवारा सांजेचो. आयताराक असेंब्लीक सुटी आसता.'

बेट्टय्याक येवंदी. थंयची खबर मेळटकीच गांवात वचून येवपाचें अशें सत्यान थारायलें. वचून कशें येवपाचें असो विचार ताच्या मनाक सतावंक लागलो. गांवातलें आमचें घर आसा तें हेर ब्राह्मणाच्या घरांच्या मदेंकात. मुखार अय्यंगारांची घरां, शेजरा-पाजरा स्मार्त ब्राह्मणांची घरां. गांवांत प्रवेश करतनाच माध्व ब्राह्मणांची घरां. आपूण बशींतल्यान देवन घराकडेन वतनाच ब्राह्मणांच्या दादले-बायलो-भुरग्यांचो नदरो आपलेकडेन वतल्यो. आपलें मन आनी आंग संकोचून वतलें. घराकडेन कशें वचपाचें?

आयजवेर केन्नाच नाशिल्ली ही मुरवत आतां कित्याक मनांत आयली? श्रीनिवासाकडेन लग्न जावपाचो निर्णय घेवचे पयलीं हो विचार मनांत आयिल्लो. पूण तेदेवेळार ताचेर धिटायेन मात केल्ली. मागीर आतां कित्याक मन तयार ना? अशें सत्याक मनांत दिसलें. पूण तेन्ना श्रीनिवासाकडेन लग्न जातलेंच असो विस्वास आशिल्लो. तेखातीर कसलीच भीड मुरवत नाशिल्ली. तरिकूय आतां हांव हरलें ना. तो हरलो. म्हूण हांव एकलें पडलां.

अशें आपलें समाधान करून घेतल्यार लेगीत, हें अंतर सर्वसामान्य लोकांक समजना. कळ्ळ्यार लेगीत तांची बुद्द तें मान्य करून घेना. तांचे नदरेंतल्यान हांवूच हरलां.

हारिल्ल्याचे भावनेन सत्याचें मन निर्शेवन गेल्लें. ह्या तणावांक लागून तागेलें मन दिशीं दिशीं खूब दुर्बळ जातालें. ताचो परिणाम म्हणल्यार गांवात अप्पांक मेळून येवपाची आस्त जाताली तरी वचपाची धिटाय दिशीं दिशीं कमी जायत वताली. तें मनांतल्या-मनांत आपल्याकूच दोश दितालें. सत्याक श्रीनिवासाचो खूब राग येतालो. 'स्राप म्हणटात तो खरो आसता, आनी म्हजे भितर तशी शक्त आसल्यार ताका हांव कितें करता आशिल्लें? तागेले हातपांय मोडून वचूं दी...' पूण मागीर कांचवेलें आनी वाक्य अर्दकुटें सोडलें. ताका स्राप दिवपाचें दुबळेपण कित्याक जागृत जालें? चूक ताणें केल्या. तकली वयर काडून हांवें चलपाक जाय. कोणाक भिवपाक जायना. बेंगळूरांतल्या घराचे धनी केशवय्यंगार, शेजारी पद्मनाभाचार्याची घरकान्न फल्गुबायकडेन झगडून कसो हट करून त्याच रुमार राविल्लें तशेंच, त्याच हटान गांवांत वचून म्हजेमुखार उबो रावन उलोवपाची धिटाय कोणाक आसा ती पळोवंक जाय, सत्यान मनांत थारायलें.

सोमारा बेट्टय्या पयले बशीन येतले. आयले बराबर असेंब्लीक वचपाचे ताकतिकेंत आसतले. सांजवेळा साडेआठमेरेन दुकानातलें काम सोंपोवन थंय

शासक भवनांत वचपाकूच नाका. मंगळारा सकाळीं आठ वरांचेर वचपाक जाता असो सत्यान मनांत विचार केलो.

सोमारा दनपरां साडेबारा वरांचेर बेट्टय्या दुकानाचेर फोन करून उलयलो. 'हांव गांवांत वचून आयलों. तुगेल्या बापायक पिशें लागलां. फाटल्या चार दिसांत आनीकूय चडलां. भाटांतले खोंपीकडेन गेल्लों. ऋषी-मुनीवरी उलयत आसतात. तुगेलो भावूय थंय आयिल्लो. तुजेविशीं सांगलें. वेंकटेशान तुका गांवांत येवपाक सांगलां. आयज सांजवेळचे बशीनच येवपाक सांगलां. तूं आतांच वच.'

बेट्टय्याक फोनाचेर उलोवपाक लेगीत वेळ नाशिल्लो. त्या दिसा एका मुखेल विशयाचेर महत्वाची चर्चा जावपाची आशिल्ली. विरोधी पक्षाचो बोवाळ सुरू आसा. म्हाका भितरूच रावन हात वयर करपाक जाय. आनीक दोन दिसांनी असेंब्ली सोंपता. 'तुमी गांवांत वचात. कळाव करनाकात.' अशें ताणें परतें सागंलें आनी फोन दवरलो.

सत्या सामकें भियेलें. अप्पाक बरें ना. गांवांत वचपाकूच जाय. अशें शेटजीक सांगून तें रिक्षेन आपल्या रुमार आयलें. दोन साडयो. पोल्कां, घागरे आनी सामके गरजेचे कपडे एके पिशवेंत भरले. रातीखातीर दवरिल्लें शीत आनी रोस दोनूय कालोवन सकयल न्हिदिल्ल्या एका सुण्याक घालो आनी आयदनां घांसून निवळ करून दवरलीं. रूमाक कलयाद घालून रिक्षेन कलासिपाळ्याच्या बसस्टँडार गेलें. निकतेंच दनपारचें देड जाल्लें. तिरुमलपूरांतल्यान वचपी तिपटूरची बस तीन वरांचेर आशिल्ली.

सांजवेळच्या सातांच्या सुमाराक बस गांवांत पावली आनी सत्या बशींतल्यान देंवन थेट आपल्या घराकडेन गेलें. सत्याक दिशिल्लें तशेंच ब्राह्मण वसतेंतल्या दारांत बशिल्ल्या सगळ्या लोकांनी ताचेकडेन परतें परतें वळून पळयलें. कांय जाण शेंपडेवरी फाटोफाट धांवन आयले. तांचेकडेन मात लेगीत लक्ष दिनासतना तें आपल्या घराकडेन गेलें. एका वर्साचो वेंकटेशाचो भुरगो भितरलेवाटेन आंगणात खेळटालो. कोणतरी अनवळखी बायल म्हऱ्यांत येता ती पळोवन तो किंळच्यो मारून रडूंक लागलो. भितरल्यान वेंकटेश भायर आयलो. 'आतांच आयलां?' अशें विचारलें.

'बेट्टय्यान फोन केल्लो. अप्पा खंय आसा?'

'अप्पा, गांवात खंय येतात? आसतले भाटांतले खोंपीत.'

'अशें कित्याक म्हणटा तूं?'

'कितें करतलों तूंच सांग. म्हजें तोंड पळयल्यार सोरपावरी फुसकारून आंगार येतात. स्वता आपूण जावन गांवांत येचनात. हांव तांकां खोंपीत आयिल्लोंच नाका. भाटांतले वंयेच्या दाराभितर पावल दवरल्यारूच तुजो जिवूच घेतलों अशें म्हणटात. पयर कुप्पण्णय्यंगारांनी म्हणलें, 'भुरग्याक घेवन वच, ताचें मुखामळ पळोवन एकाद्रे शांत जायत.' तेखातीर भुरग्याक घेवन गेलों. 'हो म्हजो नातूच न्हय. आनीक धा-बारा वर्सांनी म्हाका नातू जातलो' अशें तांणी म्हणलें. 'ताका हांगाच्यान घेवन वच नाजाल्यार तळ्यांत शेंवटून उडयतलों' म्हणलें.

'बेंगळूरांत वचून एकाद्र्या बऱ्या दोतोराक दाखयल्यार कशें.'

'कोणाकूच म्हऱ्यांत येवपाक दिनात ते.'

'पूण अशें जालें कशें?'

इतल्यांत जयम्मा रांदचे कुडींतल्यान येवन भितरल्या दारांत उबी राविल्ली. तिणें मदींच म्हणलें, 'सत्याक कितें तें सगळें सारकेंच सांगात. कितेंच लिपोवन दवरनाकात. तें कितेंतरी करतलें. हें कितें तूं उबेंच आसा. भितर येवन बस. मात्शे हात-पाय तर धुवन घे.'

इतल्यांत भायल्या दारांत तीग-चौग जाण येवन उबे रावले. मुखावयल्या घरांतले कुप्पण्णय्यंगार, फाटले पायणीकडले वेंकण्णाचार्य, शेतकार सुब्बराय आनी हेर मंडळी वेंकटरमणय्यांची चली बेंगळूरच्यान आयल्या हें पळोवपाखातीर उत्सुकतायेन आयिल्ले. तें वेंकटेशाक रोखडेंच कळ्ळें. 'कुप्पण्णय्यंगार, भितर वांस्वेल नाचता येयात. तिकीट-बिकीट कांयच ना.' अशें वेंकटेशान म्हणलें. सगळ्याचीं तोंडां देंवलीं. पूण कुप्पण्णय्यंगार दांत दाखोवन हांसत म्हणपाक लागले, 'सत्या आयलां म्हूण कळ्ळें. पळोवन वचया म्हूण आयलों.'

'सत्यान आपलेबराबर एक वांस्वेल हाडलां अशें कोणेय सांगलें ना तुमकां?' अशें वेंकटेशान म्हणलें आनी सत्याक भितर वचपाक सांगलें.

आता कुप्पण्णय्यंगाराकूय लज जाली. 'अशे कित्याक रागार जातात? तुमगेल्या बापायक अशें जालां म्हूण मनाक दुख्ख जालें. तेखातीर हातांतल्यान जाता तितली मजत करची म्हूण आयिल्लों. बरें, फाल्यां उलोवया. सत्याय निकतेंच प्रवासांतल्यान आयलां.' अशें म्हणून ते परतले. उरिल्ले सगळे ताचेपयलींच पसार जाल्ले.

वेंकटेशान म्हणलें, 'असल्या वायट ब्राह्मणांच्या मदेंकात आमकां रावंक जाय. अप्पाचें म्हणल्यार तांगेलें अशें. कितें करपाचें तूंच सांग.'

'सत्या, भितर येवन बस. मागीर उलोवंया -' अशें जयम्मान परतें म्हणलें. वेंकटेशूय घराचें दार बंद करून आडवी पट्टी लावन भितर आयलो. सत्या मान्न्यांत वचून हात-पांय धुवन आयलें. जयम्मानूच म्हणलें, ''चल्याचें लग्न जाल्यार देवळाची फाटली वणत पडपाक आयल्या ती परती बांदतां.' अशें मेलगिरीगौडाचे बायलेन म्हणल्यार रंगम्मान सांगणी केल्ली खंय. सरकारी इंजिनियरांक आपोवन ती वणत बांदून घेतली. मागीर गौडाच्या घरांतल्यानीं पंचामृत अभिशेक केलो. अभिशेकाच्या आदल्या दिसा येवन तांणी सांगलें, 'हांव फाल्यांसावन देवाची पूजा करचो ना. तो कसलो देव, तो फकत फातोर. ही जापसालदारकी हाचेमुखार तुजेर.' अशें म्हणून देवळाच्या चाव्यांचो घोस मुखार शेंवटून उडयलो. हांव आतां हाचेमुखार भाटांत रावतलों. हांव वानप्रस्थाचो स्विकार करता. थंयच खोंप बांदता आनी थंयच रावंक वतां. जानवें लेगीत काडून उडयलें खंय. देवळाक उरफाटी प्रदक्षिणा घालून तळ्यांत न्हावन भाटांत वताले खंय. एक दीस बेट्टय्याक सोदपाखातीर रातीचेच म्हारांवाड्यार गेल्ले खंय. आमकां खबरूच ना. म्हारावाड्यावयले दादल्यानीं तांचेर शेणां लोळे मारून धांवडायले आनी तांचेर सुण्यांक सोडले खंय. सुणें चाबूनच तांकां पिशें लागलां दिसता. तें सुणें पिसाळिल्लें काय कोण जाणा. तुका पळोवपाखातीर बेट्टय्या वांगडा बेंगळूराक गेल्ले न्हय, थंयच्यान येवन एक म्हयनो जालो. आनी ह्या आठ-धा दिसांच तांगेलीं पिशेंपणा वाडल्यांत.'

सत्यान विचारलें 'आतां ते भाटांतूच रावतात?'

'रावतात. नाजाल्यार थंयच खंयूय जाल्यार हेडत रावतात.' वेंकटेशान म्हणलें.

'चल, पळोवन येवया.'

'तुका अक्कल ना. आतां रातीकडेन वचून कितें करपाचें? सकाळीं वचुंया.'

'ना. म्हाका आतांच तांकां पळोवपाक जाय.' सत्यान हटान म्हणलें.

निरुपायान तोय वचपाक तयार जालो. 'जेवन वच. बशींतल्यान येवन तुका भूक लागल्या आसतली. थंयच्यान परतून येवपाक कितलो वेळ जातलो म्हूण कोण जाणा.' अशें म्हूण जयम्मान आग्रो केलो.

'अप्पा पोटाचें कितें करतात?'

'भाटांत रावपाक वचतसावन आमी रांदिल्लें कितेंय दिल्यार ते खायनात. मनांत आयल्यार थंयच रांदून जेवतात. नाजाल्यार फळाहार म्हूण आडसरां काडून खातात.'

भावजयेन आग्रो करतकीच तें जेवपाक उठलें. रांदचे कुडींतच एके वटेन दोन पानां दवरलीं आनी सत्याचें पान दुसरेकडेन वाडिल्लें. 'तीन पानां कोणाखातीर? हें इतलें पयस घालां? कित्याक?' सत्यान विचारलें.

'हांगा तूं बस. थंय हे आनी नरसिंह पुरोयत बसतात.'

'नरसिंह पुरोयत म्हणल्यार कोण?'

'देवाचे पूजेक म्हूण हांणी तांकां हाडून दवरल्यात. ते तुमकूरांतले. सकाळीं सदांच देवळांत वचून पूजा करपाचें हें तांचें काम. घरचें जेवण-खाण, वर्साक एक जोडी पुडवें, दोन तुवाले, आनी वर्स सोंपतना शंबर रुपये दिवपाचे. भुरग्याक लेगीत खेळयतात. खूब बरे आसात.'

सत्या आयिल्लें तेन्ना तो गोठ्याचे कुशींतले कुडींत संध्या-वंदन करपाक बशिल्लो. वेंकटेशान वचून ताका जेवपाक आपयलो. जेवणाक आपयसर गायत्री मंत्राचें पठण करपाची ताची पद्धत. उलो आयकूंक येतकूच निमाणचें आचमन सोंपोवन संध्यावंदनाच्या ताटांतलें उदक फाटल्या दारांत आशिल्ले केळीक घालून तो रांदचे कुडींत आयलो. साठ-पांसष्ठ वय आसतलें. कपलाचेर गंधाक्षतेवयर सांजवेळचे संध्येउपरांत बिबूतिचो पट्टो ओडून दोनूय भोंवयामदीं गंध लायिल्लें दिसतालें. तो तांबड्या रंगाचें पुडवें कास मारून न्हेशिल्लो. वयर आनीक एका पुडव्याची घडी पांगुरिल्ली. ताका पळोवन सत्याक दिसलें, हो मनीस कसलेच राटावळींत पडपी न्हय म्हूण. सत्याक पळोवन ताणें तें कोण म्हूण विचारलें लेगीत ना. जयम्मान सांगलें, 'ही म्हगेली नणंद. बेंगळूरांत रावता म्हूण सांगिल्लें न्हय तुमकां, तेंच. सत्यभामा ताचें नांव.' ताणें 'बरीं आसात न्हय' अशें म्हणून चित्राहुती दवरली. ताचे शेजरा आंगावयल्या शर्टाचेरूच वेंकटेशूय जेवंक बसलो. चल्याच्या हातांत खेळण्यांतली रेल्वे दिवन जयम्मान ताका वाडलो. सत्यान हाचेपयलीं जयम्माक सारकें पळोवंक नाशिल्लें. आतां जेवणाक बशिल्लेकडल्यान तें तिका बारीकसाणेन पळोवपाक लागलें. पांच-स म्हयन्याची गुरवार. कानांत लिकलिकपी वज्राच्यो वेड्यो. नाकांत वज्राची पिली. वेंकटेशानूच हालींसरा ह्यो वस्ती केल्यात आसतल्यो.

जेवण जातकूच रोखडेंच सत्या भाटांत वचपाखातीर भायर सरलें. हातांत बेटरीचो दिवो घेवन वेंकटेशूय फाटोफाट गेलो. ब्राह्मण वसतेंतले सगळे सुस्त न्हिदिल्ले. तटबंदीच्या दाव्या दारांतल्यान भायर सरून देवळाची वाट दावेवाटेन सोडून तांणी आपल्या भाटाची वाट धरली. सत्याक लेगीत काळखांत वेवस्थीत पावलां घालून वचपा इतली संवकळीची वाट ती. एका शेताची पलतड केली. मागीर तेल काडपाचो घाणो जातकीच तीं आपल्या भाटाचे वयेच्या दाराकडेन

पावलीं तेन्ना खोंपीत उजो पेट्टा तो दिसलो. 'एकाद्रें रांदता दिसता.' अशें म्हणत वेंकटेशान ल्हवूच वंयेचें दार उक्तें केलें. भितर येतकूच ताणें दार परतें बंद केलें. इतलो वेळ तो मुखार आशिल्लो. उपरांत मात तो सत्याच्या फाटोफाट वचपाक लागलो. खोंपी म्हऱ्यांत पावतां पावतां खोंपीतल्यान व्हड व्हडान म्हणिल्ले हवनाचे मंत्र आयकुपाक येवंक लागले.

'ॐ सुसमिद्धाय शोचीषे घृतं तीव्रम् जुहोतन।

अग्नये जातवेदसे स्वाहा।'

खोंपी लागीं येतां येतां वेंकटेशान ल्हवूच म्हणलें, 'सत्या, तूंच दार उक्तें कर.' सत्याक भंय दिसनाशिल्लो. आपलो भाव इतलो कित्याक भियेता तें सत्याक कळ्ळें ना. धिटायेन दाराकडेन वचून उबें रावलें. मंत्र स्पश्ट आयकूंक येताले.

ॐ तं त्वा समिभ्दिरंगिरो घृतेन वर्धयामसि।

बृहच्छो चायविष्ठ्य स्वाहा।

ते मंत्र सत्यान ल्हान आसतनाच आयकल्ले. एका सुरान स्पश्ट उच्चारान म्हणटाले. स्वर, उदात्त, अनुदात्त, वर्ण, मात्रा कित्यांतूच चुको नाशिल्ल्यो. थंयच रावन तांची एकाग्रता मोडिनासतना मंत्र आयकुंचे अशें ताका दिसूंक लागलें. तें तशेंच उबें रावलें. कांय अंतराचेर वेंकटेशूय उबो रावलो. मात्शा वेळान खोंपीतले मंत्र थांबले. उपरांत कसलोच शब्द आयकूंक आयलो ना. सत्यान मागीर ल्हवूच दार धुकल्लें.

भितरल्यान ते आड्डले 'कोण आसा थंय? ब्रह्म दंड मंत्रून सोडटलों.'

'हांव अप्पा. सत्या.'

'सत्या? सत्ययुगांतली सोळा लक्षणां. धर्म परिपूर्ण जाल्लें युग. हो वसिष्ठ ब्रह्मर्षी सत्ययुगांतलोच आसा. भितर यो.'

भितर येवन सत्यान पळयलें. वेंकटरमणय्यान जमनीचेर मदेंकात रेंव पातळावन ताचेर एक ल्हानशेंच हवनकुंड दवरिल्लें. शेजरा समिधेची चुडी दवरिल्ली. हवनकुंडांत उजो भगभगतालो. त्या उजाच्या उजवाडांत कौपिनधारी अप्पांची मूर्त सत्याचे नदरेक पडली. दाव्या खांद्यासाकून उजवे कमरेमेरेन जानव्याच्यो धा-पंदरा पारो घाल्ल्यो. तीं दाट सुताच्या गुटल्यावरी दिसतालीं. तोंडाचेर अस्ताव्यस्त वाडिल्ल्यो खाड-मिश्यो, माथ्याचे केंस लेगीत कापिनाशिल्ल्यान अस्ताव्यस्त जाल्ले.

'खंयच्या लोकांतल्यान आयलां?' अप्पान विचारलें.

'अप्पा, हांव सत्या. म्हाका वळखले ना? बेंगळूरच्यान आयलां.'

'आतल वितल सुतल तलातल महातल रसातल पाताल अशे सकयल सात लोक आसात, वयर सात लोक आसात. तू खंयच्यान आयलां? सत्यलोकांतल्यान आयलां न्हय?'

'हय'

'भितर यो. बस.'

सत्यान भितर पावल दवरलें आनी फाटल्यान वळून म्हणलें, 'वेंकटेश, भितर यो.' तें नांव कानार पडटकूच वेंकटरमणय्या चाळवलो आनी आड्डलो, 'तो चांडाळ म्हज्या आश्रमांत आयल्यार आश्रम अपवित्र जातलो. तो हांगाच्यान वचना जाल्यार आग्नेयास्त्र सोडटलों.' अशें म्हणून ताणें हवन कुंडातलें एक पेटिल्लें लाकूड उखलून खोंपीभायर धांवले. वेंकटेश भिवन थंयच्यान धांवलो. सत्यान म्हणलें, 'अप्पा, तुमकां तो हांगा आयिल्लो नाका जाल्यार ताका घराकडेन वचूं दी. अशे कित्याक रागार जातात? वेंकटेश, तूं घराकडेन वच. म्हजेविशीं विचार करूं नाका. अप्पा म्हाका बरेंभशेन वागयतले.' वेंकटेश पयस रावलो. 'तूं वच. हांव हांगा रावतां.' अशें सत्यान परतें सांगलें. मागीर वेंकटेश टॉर्च पेटोवन घरा गेलो.

'अप्पा भितर येवन बस. तुका पळोवपाखातीर हांव आयलां.'

'आयलें तें बरें केलें. अरुंधती आश्रमांत ना. भूलोकांत एक यज्ञ चलला. थंयचे हविस स्विकार करपाक इंद्र गेला. पूण वसिष्ठ नाजाल्यार इंद्र हविसाचो स्विकार करचो ना. हांव सांगता तें आयकून घे. ह्यो सगळ्यो देवता सामक्यो हलक्या पातळेवयल्यो आसात. ह्योच खऱ्यो अंत्यज. हांची उपासना करपी सगळे कमी दर्जाचे. ब्रह्मर्षीच सर्वश्रेश्ठ. भितर चल. तुका सगळें सारकें सांगतां.' अशें म्हणून हाताक धरून सत्याक भितर व्हेलें. ताका अग्नीचे एके वटेन बसोवन आपूण मुखावयले वटेन बसलो. मागीर कितेंतरी याद करून म्हणलें 'तुका ब्रह्मोपदेश जाला? जो ब्राह्मण न्हय तो अग्नीची उपासना कसो करतलो?' 'राव उपदेश करतां' - अशें म्हणून तो उठलो. खुटयाळ्याक हुमकळायिल्ल्या पोतयेंतल्यान ताणें एक तीन पदरी जानवें भायर काडलें. 'हांगा यो.' म्हूण ताचो हात धरून म्हऱ्यांत ओडलें. 'यज्ञोपवीतम् परमं पवित्रम् -' अशें म्हणत तें जानवें तागेल्या दाव्या खांद्यावयल्यान घालें, आनी मागीर ताणें म्हणलें, 'बाय, हांगा यो. म्हजे मांडयेर बस. गायत्री उपदेस करतां' अशें म्हणून आठ वर्सांच्या बटूक बसोवन घेतात तशें सत्याक आपले मांडयेर बसोवन घेतलें. मंत्रमुग्ध जाल्लेवरी सत्या कसलोच विरोध करिनासतना अप्पाचे मांडयेर वचून बसलें. मुखावयलो अग्नी, आपल्या गळ्यांत पडिल्लें जानवें, सगळें ताका

प्रत्यक्ष सतच कशें दिसतालें. तागेल्या उजव्या कानाकडेन आपले ओंठ व्हरून ‘ॐ भूर्भुवस्वः तत्सवितुर्वरेण्यम् भर्गोदेवस्य धीमहि धियोयोनः प्रचोदयात्’ असो स्पश्ट शब्दांत ताणें उच्चार केलो. ‘उपदेस जालो. आतां अग्नीकार्य’ म्हणत ताणें ‘ॐ भूः अग्नियें स्वाहा’ असो मंत्र सांगून ताका एकेक सामिधा अग्नींत उडोवपाक सांगल्यो. सत्याक उबें करून ‘अग्ने नय सुपथाराये अस्मान्। विश्वानि देववयुनानी विद्वान्।’ अशे मंत्र म्हणून अग्नीक प्रदक्षिणा काडपाक लायल्यो. मागीर आज्ञा केल्लेवरी मात्शा व्हडल्या आवाजांत ताणें म्हणलें, ‘उपरांत हांव आश्रमांत नासतना आनी तुगेली आवय भायर गेल्ली आसतना अग्नीकडेन लक्ष दिवप हें तुगेलें कर्तव्य.’ अशें म्हणून खंय तरी गेले.

सत्या ते मंत्रमुग्ध परिस्थितींत मोन्यांनी उबें आशिल्लें. मुखावयल्या उज्याच्यो ज्वाळो कमी कमी जाताल्यो. ताची नदर ताचेरूच आशिल्ली. ‘ॐ भूर्भुवस्वः तत्सवितुर्वरेण्यम्’ हो मंत्रूय ताका खबर आशिल्लोच. तो मंत्र सत्याच्या कानांत घुमतालो. तें थंयच बसलें, म्हऱ्यांत आशिल्ल्यो समिधा एकेक करून अग्नीकुंडांत घालून अग्नी पेटोवंक लागलें.

## 3

एक वरा वयर सत्या अग्नी प्रज्वलीत करीत बसलें. इतल्यांत समिधा सोंपल्यो. समिधेची निमाणी काडीय पेटून मंद उजो जातकूच सत्याक भोंवतणच्या काळखाची जाणविकाय जाली. ताणें खोंपीत आपली एक नदर भोंवडायली. तेन्ना ताका एक लापयांव नदरेक पडलो. तें उठलें आनी ताणें तो पेटोवन दवरलो. भायर सरून गेल्ल्या अप्पाचो पत्तोच नाशिल्लो. वारें सुटिल्लें आनी तातुंतल्यान चुडटांचो सुंय् सुंय् आवाज आयकूंक येतालो. सत्या लापयांव हातांत घेवन भायर आयलें आनी काळखांत खंयतरी अप्पाची अस्पश्ट आकृती दिसता काय म्हूण ताणें भोंवतणीं सारकेंच पळयलें. कांयच दिश्टी पडलें ना. खोपीचें दार धांपून तें भाटांत भोंवताडो मारून आयलें तरीकूय अप्पा खंयच दिसले नात. दरवट्याकडेन उबें रावन ताणें उलो मारलो - ‘अप्पा.’ खंयच्च्यानूच ताका जाप मेळ्ळी ना. परतेय दोन फावटी सत्यान व्हडल्या आवाजान उले मारले. रातीच्या निशब्द वातावरणांत ते उले नाच्च जाले. ताका आतांमेरेन कसलोच भंय दिसूंक नाशिल्लो. पूण आतां ताणें व्हडल्यान उले मारिल्ले तेन्ना ताका मध्यानरातीची जाणविकाय जाली. भोंवतणच्यो माडांच्यो आकृत्यो ताका विचित्र कशो दिसताल्यो. लापयांव

घेवन मोन्यांनी घरा वचचें अशें ताका दिसलें. पूण वचचें न्हय अशेंय दिसलें. असले अस्थिर मनस्थितींत तें कांयवेळ तशेंच उबें रावलें. खोंपितलो उजो पालवतलो हो विचार मनांत येतकूच तें सडसडीत भितर गेलें. शेजरा आशिल्ले माड, तांच्यो पसरट आकृत्यो, जावं लापयांवाच्या उजवाडांत आपले आशीकुशीक पडपी आपली सावळी ते काळखी रातींत ताच्या मनांत भंय तयार करूंक शकली ना. खोंपीम्हन्यांत येतकीच एक फावट भोवतणीं सारकेंच पळयलें. थंय खोंपीचे फाटलेवटेन हातायेदे लांब आनी मांडयेचे जाडाये इतलें आठ-धा लाकडाचे दामे आशिल्ले. एकेक करून तातुंतलीं दोन लाकडां उखलून ताणें तांचीं तोकां अग्निकुंडात दवरलीं. अग्निकुंडातल्या गोबरांत अजून पेटिल्ले इंगळे आशिल्ले. शेजराच उरिल्ल्यो समिधा वेंचून तातूंत घालून तोंडांतल्यान फूंक मारली. तेन्ना दोनूय दाम्यांचीं तोंका पेटलीं. तें उज्याकडेन एकेच नदरेन पळयत रावलें. असोच खूब वेळ जावन गेलो. तरीकूय वेंकटरमणय्या आयलोच ना. येवपाची लक्षणांय दिसनाशिल्लीं. मात्शा वेळान सत्याक झेम आयली. ताणें भोवतणीं पळयलें. थंय एक विणिल्लें मल्ल वणटीक तेंकोवन दवरिल्लें ताका दिश्टी पडलें. तें जमनीचेर उडोवन ताचेर तें आड पडलें. कांय खिणांत ताका सुस्त न्हीद लागली.

ताका जाग आयली तेन्ना उजवाड जातालो. तेल सोंपिल्ल्यान लापयांव पालवल्लो. जागें जातकूच ताणें भोवतणीं सगळ्याक पळयलें. आपूण खंय आसा आनी ताचें कारण कितें हें मनांत येवपाक मात्सो वेळ लागलो. सगळे दामे जळून उजो निमाण्या तोंकामेरेन पाविल्लो. आतां कितें करपाचें हें सत्याच्या लक्षांत येना जालें. उठलें आनी कुंडा म्हन्यांत गेलें. थंय एका पिठूळ फातराचो घट फातरान पिठो करून ताणें बोटांनीं दांत घांसले आनी तोंड, हात-पांय धुवन आयलें. आनीक दोन दामे अग्नीकुंडात हाडून दवरले. फूंक मारून ते पेटयले. आपूण भायर गेल्यार लेगीत उजो जळत उरतलो अशे पद्धतीन दोनूय दामे दवरून खोपीचें दार बंद करून तें भायर आयलें. अप्पा खंय आसतले? खंय शेतां-भाटांत? तळ्याबांदार? न्हिदनासतना बसून रावल्यात काय? वा खंयतरी बेश्टे जमनीचेर न्हिदले आसतले अशें ताका दिसलें. ताका भोंवतणी शेता-भाटांनी सोदून जातकूच तें तळ्याबांदाकडेन गेलें. मात्शें पयस उंचायेर देवूळ आशिल्लें. अप्पा थंय आसतलो अशें सत्याक दिसलें. एक फावट देवूळ पळोवपाची इत्साय ताच्या अंतर्मनात लिपिल्ली. ती उंचाय काडटकीच पळयत जाल्यार देवळाचे उजवे वटेन एके सपाट फातरीचेर फकत लंगोट न्हेसून न्हिदिल्ले अवस्थेंत तो सत्याचे नदरेक पडलो. आतां ताची कूड स्पश्टपणान दिश्टी

पडली. आंगावयली कात सुकून जायतेकडेन रक्ताळिल्ली. हड्डें-हात सुकिल्ल्यावरी जाल्ले आनी पोट सामकें भितर गेल्लें. पांयाच्या बोटांमदीं चिकोल लागिल्लो तो सगळो सुकिल्लो.

ताका जागोवपाचें काय तशेंच न्हिदपाक दिवपाचें ह्या विचारांत तें दोन मिणटां तशेंच उबें रावलें. निमाणे सत्यान ताचो हात हालोवन जागो करत म्हणलें, 'अप्पा, उठ, खोपींत येवन न्हीद.' जाग येतकूच ताणें दोळे उक्ते केले आनी वळखनाशिल्लेवरी सत्याचें तोंड पळयत रावलो. 'हांव सत्या. वळखले न्हय? काल राती आयिल्लें.' अशें म्हणटकूच ताणें म्हणलें, 'शेजराच बागेंत फुलां पुंजावपाखातीर गेल्ली इतलो वेळ जालो तरी ती कशी आयली ना?'

'कोण?'

'अरुंधती.'

'आतां आश्रमांत येयात. अग्नी आजूनमेरेन पेट्टा थंय आसा.'

तशे म्हणटकूच तो खोंपीकडेन झरझरीत वचपाक लागलो. ताचेवांगडा सत्याच्यान चलपाक जालें ना. भाटांत कामाक वचपी, तळयाच्या उदकाखातीर येवपी गांवातले लोक ह्या बापूय-धुवेक पळयत रावले. पिशें लागिल्ल्या देवळांतल्या ब्राह्मणाइतलेंच स्वता ब्राह्मण आसून गौडाच्या चल्याकडेन लग्न करूंक तयार आशिल्ले आनी आतां न्हयकार मेळिल्ले चलयेक पळोवपाक तांकां एकेतरेची उत्सुकताय दिसताली. सत्याचें मात तांचेकडेन लक्ष नाशिल्लें. आनी तें अप्पाच्या फाटल्यान भाटांत गेलें. खोंपीचें दार काडलें, अग्निकुंडात जळटा तो अग्नी पळोवन उमेदीन फाटल्यान वळ्ळे आनी ताच्या माथ्यार हात दवरून, 'बाय, तुका आशिर्वाद दितां. तुवें कितले श्रद्धेन ह्या अग्नीचें रक्षण केलें. तुगेली आवय मात आपलें कर्तव्य विसरून खंय गेल्या म्हूण कोण जाणा!' अशें म्हणून 'आतां पयलीं न्हावन सदांची कामां सोंपोवया. मागीर आमी उलोवया.' ताणें म्हणलें.

मागीर ते कुंडांत देंवले आनी आंग घांसून न्हावन वयर आयले. खोंपीतल्यान एक कुराड घेवन लाकडाचे बारीक बारीक कुडके करून रांदन पेटयली. ल्हान साकांतले तांदूळ काडले आनी एका ल्हान आयदनांत तांदूळ घालून ताणे रान्नीचेर शिताक दवरलें. मागीर ताणें सत्याक विचारलें. 'तूं न्हालें?'

'ना.'

'हवनाचे पयलीं सगळ्यांची न्हाणां जावपाक जाय.'

न्हावन कपडे बदलपाखातीर ताचेकडेन दुसरे कपडे नाशिल्ले. तशेंच तें कुंडात बुडलें आनी आयलें. आदल्या दिसा रातीं अप्पान घाल्लें जानवें ओलें जावन ओल्या पोल्काक दसून आशिल्लें तें तशेंच दवरपाचें काय काडून उडोवपाचें? आतां हें काडलें जाल्यार ते यादीन विचारतले म्हूण सत्यान जानवें काडलें ना. ओलो जाल्लो घागरो, ब्रा पिळून सुकपाक घालून, पिळिल्ली ओली साडी आनी पोल्क घालून खोपींत आयलें. शीत शिजतालें. आतां कितें करपाचें हें सत्याक येवजना जालें. मोन्यांनी तें तांचेमुखार रान्नीकडेन तोंड करून बसलें. ते उबेन थंडी कमी जाली. अप्पा सत्याकडेन कांयच उलयलो ना. शीत शिजतकूच ताणें हवन करपाक सुरवात केली.

पाच मिणटांनीं भायर कोणाचो तरी पावलांचो आवाज आयकूंक आयलो. सत्या उठून भायर आयलें. वेंकटरमणय्या एकचित्तान मंत्र म्हणून अग्नीक हवीस अर्पण करतालो. ताका लागून भायर कितें घडलां ताचो आनी पावलांचो आवाज ताका आयकूंक आयलो ना. सत्या भायर गेल्लें लेगीत ताका कळ्ळें ना. आदल्या दिसा घरांत मेळिल्ले नरसिंह पुरोयत हातांत एक धांपण्याचो तांबयो घेवन खोंपीकडेन उबो राविल्लो. सत्याक सुमार धा हात अंतराचेर व्हरून पुरोयतान सांगलें, 'तुमी एकल्योच कशो हांगा रावतल्यो ह्या हुस्क्यान जयम्मा आनी वेंकटेशमूर्तीक चुटमुटे लागल्यात. तांणी तुमकां कॉफी धाडून दिल्या. घेयात.'

'अप्पाच्या जेवणा-खाणाचें कितें?'

'घरांत शिजयिल्ले खंयचेच वस्तूक ते हात लायनात. हांगाच तांदूळ, दाळ सगळें आसा. गोरवांक सोडटकूच नोकर मागीर दूद हांगा घेवन येता. तुमी मातशावेळान घराकडेन येयात. खावन जातकूच मुखार कितें करपाचें, बेंगळूरांत पिशांच्या हॉस्पिटलात घेवन वचपाखातीर तांकां समजावन तयार करपाक जातलें काय कितें हें तुमचेकडेन वेंकटेशमूर्तीक उलोवपाक जाय खंय.'

आतां सत्याच्या लक्षांत आयलें, आपूण अप्पा म्हर्‍यांत येत सावन तांच्याच प्रभावांत आशिल्लें म्हूण. तांची परिक्षा करपाचो वा ह्या भ्रमिश्टपणा फाटलें कारण सोदून काडपाचो येत्नूच करूंक नाशिल्लो. पुरोयताच्या हातांतलो तांबयो घेवन, उळउळीत आशिल्ली कॉफी पिवन तांबयो कुंडात धुवन ताच्या हातांत दीत सत्यान म्हणलें. 'हांव आतां येवचें ना. तांचेकडेन पयलीं उलोवन कितेंय कळटा जाल्यार पळयतां. तांकां बेंगळूरांत दवाखान्यात व्हरपाक जाय जाल्यार तांकां फुसलावन, अपुरबायेन सांगपाक जाय. नोकर दूद घेवन येतलो

न्हय, ताचेकडेन म्हजी समानाची पिशवी धाडून दियात. बदलुवपाक साडी ना. हांव फाल्यां जमता तेन्ना घराकडेन येतां.'

धांपण्याचो तांबयो घेवन तो गेलो. सत्या खोंपीत वचून अग्नी म्हऱ्यांत बसलें. धा मिणटांत हवन करून वेंकटरमणय्या ओग्गी बसून रावलो. मात्शा वेळान सत्यान विचारलें, 'अप्पा, अरुंधती म्हणटा न्हय, ती कोण?'

ताच्या चेहऱ्याचेर तिडकीचें ल्हार उदेलें. कपलाचेर मिरयो चडल्यो. 'मूर्ख, आपले आवयक तूं वळखना? ती कोण काय म्हूण विचारता?'

'ती म्हजी आवय म्हूण म्हाका खबर आसा. तिगेलें कुळार खंय तें तरी सांगात. तिका घेवन येवपाक जाता.'

'तिगेल्या कुळारा वचूंनाका. हांगा पळय. ती जल्मतना चांडाळ-कन्या आशिल्ली. पूण म्हजो हात धरतकूच महाब्राह्मणी जाली.'

'तें म्हाका खबर आसा. ती खंय गेल्या आसतली? हांव तिका सोदून घेवन येतां.'

अप्पान उस्वास सोडलो आनी म्हणलें, 'सकयल्या लोकांत हांवें तिका सोदली. इंद्राक सांगलें. अग्नीक सांगलें. वायूक सांगलें. कोणाच्यानूच तिका सोदपाक जालें ना.'

इतलें सांगून तो ओग्गी रावलो. परतें सत्यान तागेल्या मनातलें जाणून घेवपाचो येत्न केलो. पूण तो फळाक आयलो ना. जयम्मान सांगिल्ले गजालीची याद जाली आनी ताणें अप्पाच्यो पोंवट्यो लक्ष दिवन पळयल्यो. उजवे पोंवटेचेर एक जखमेची खूण दिसली. सत्यान विचारलें, 'हो कसलो घाय?'

अप्पान जाप दिली ना. सत्यानूच म्हणलें, 'सुणें चाबलें?'

अप्पाक तें आयकून खूब तिडक मारली. आनी आड्डले. 'भायर सरून वच ह्या आश्रमांतल्यान. सुण्याचे जातीचें खंयचें! सुण्याविशीं उलयता? ह्या ब्रह्मर्षीक हें सुणें आफूडन घांस मारतलें? आनी अशें उलयल्यार तुजे तकलेर, आंगार, हातार शेणाचे लोळे मारतलों.' अशें म्हणून वेंकटरमणय्या गुरगुरलो.

'अप्पा हांवें बेश्टेंच विचारलें, दुखता जाल्यार दवाखान्यांत वचून वखद लावन घेवन येवया म्हूण. आनी तशें पळोवंक गेल्यार सुण्याक तुमच्या म्हऱ्यांत येवपाइतली धिटाय येतली खंयच्यान?'

'हां तशें म्हण. सुण्याची जात म्हणल्यार चांडाळाची जात. म्हज्या म्हऱ्यांत येवपाची धिटाय चांडाळामदीं खंयच्यान येतली?'

'तशें जाल्यार अरुंधती?'

'तिका हांवेंच शुद्ध केली -'

'शुद्ध केल्यार लेगीत ती आतां खंय गेली?'

'तिच्या मनांत अशुद्ध आशिल्ल्याचो भाव भितर लिपिल्लो आसूंक जाय. म्हूण ह्या अग्नीक ती भिवन गेली आसतली.'

सत्या ओगी बसलें. ताका एक मार्ग येवजलो. पूण ताचें सार्थक जायतशें ताका दिसलें ना. पूण अशक्य म्हूण तें फाटींय सरलें ना. सत्यान विचारलें, 'पांयाच्या घायाक वखद करूंक जाय. बेंगळूरांतल्या हॉस्पिटलांत वचूंक जाय.'

'चल, वच हांगाच्यान, पापी. तुगेलो भाव लेगीत आयिल्लो म्हाका बेंगळूरातल्या दवाखान्यांत व्हरपाक. आतां तूंय आयलां तेंच सांगपाक? परतो जर होच विशय काडलो जाल्यार हांगा पळय.'

पेटिल्ल्या उज्याकडेन बोट करून सांगलें, 'तुका धरून अग्नीक आहुती दितलों.'

'बेश्टेंच तशें म्हणलें अप्पा, अशे रागार जावंनाकात.' इतलें म्हणून तें ओग्गी रावलें.

अप्पा खोंपी भायर आयलो आनी सत्याकूच आपयलें. तें भायर येवन उबें रावलें. 'थंय पळय.' व्हाळाचे पलतडी बोट दाखयत ताणें म्हणलें - 'त्या म्हादर्याचे पलतडी राकेसलोक रावतात. तुवें तो हुपून वचपाक जायना. कळ्ळें?'

'हय.'

'तशें जाल्यार भितर येवन अग्नी म्हऱ्यांत प्रतिज्ञा कर.'

मात्शा वेळान, घरांतलो नोकर येवन एक तांबयो दूद आनी तागेली कपड्याची पोती दिवन गेलो. अप्पा ताचेर रागार जालो ना. ताचेकडेन आपलो कसलोच संबंद ना अशे भशेन ताणें ताचेकडेन लक्ष दिलें ना. सत्यान खोंपीत आशिल्लें रांदपाचें सामान काडून पळयलें. तांदूळ, दाळ, मिरसांगे पिठो, मीठ, सगळें आशिल्लें. तूं वच अशें नोकराक सांगून ताका धाडलो. एका आयदनांत तांदूळ धुवन दवरले, दुसऱ्या आयदनांत दाळीखातीर उदक घालून रान्नीर दवरलें. इतल्यांत देवळाची घांट वाजयिल्ल्याचो आवाज आयलो.

'इंद्रलोकांत वचून पळोवन येतां.' - अशें म्हणून वेंकटरमणय्या थंयच्यान गेलो. इंद्रलोक म्हणल्यार देवस्थान हाचो अर्थ सत्याक कळ्ळो. कोणाक तरी सोदता आशिल्ल्यावरी भोंवतणी पळयत तो गेलो. वंयेच्या दारांतल्यान भायर वचमेरेन ताका पळोवन सत्या भितर आयलें आनी रान्नींतलीं लाकडां सारकीं केलीं. सत्याकूय देवस्थानांत वचून येवपाची इत्सा मनांत जाली. काल रातीं देवळा लागींच सपाट फातराचेर अप्पा न्हिदिल्लो. थंय गेलें जाल्यार कसलीय

तरी सुलूस लागतली अशें ताका दिसलें. ताका देवस्थानांत गेल्यार एक वर्स जावन गेल्लें. वचून पळोवन येवपाक जाय अशें दिसलें. हून जाल्ल्या उदकांत दाळ घालून वयर धापणें धांपून उजो सारको केलो आनी तें उठलें. नोकरान हाडून दिल्ले पोतयेंतल्यान धुल्लो घागरो, ब्रा, पोल्क घालून, दुसरी साडी न्हेसून परतो रान्नींतलो उजो सारको करून खोंपीचें दार आड करून गेलें.

अप्पा तेन्ना देवळा लागसारचे उंचायेवयले सपाट जमनीचेर उबो आशिल्लो. भोंवतणीं पसरिल्ल्या भाताच्या शेतांतल्या बांदावयल्यान वचून तो चडाव चडपाचो ती वाट. इतल्यांत दावे वाटेच्या रस्त्यान किंमती साडयो न्हेशिल्ल्यो बायलो, एक जाणटो दादलो. आनीक एकलो तरणाटो येता तो दिश्टी पडलो. सत्याचें चित्त विचलीत जालें. श्रीनिवासाचो आजो हातांत बेताची बडी घेवन चलत येतालो. ताचे फाटल्यान तागेली आवय, तिचेवांगडा गुरवार चली आशिल्ली. स म्हयन्याच्या तिगेल्या पोटावयल्यान हळडुवे जड रेशमी साडयेच्यो मिरयो देंविल्ल्यो. तांचे फाटोफाट श्रीनिवास आशिल्लो. ताच्या हातांत कृष्णाजीनाचो ल्हान कवळो आशिल्लो. ती गुरवार चलीच श्रीनिवासाची बायल आसतली हें सत्याच्या रोखडेंच लक्षांत आयलें. श्रीनिवासान सत्याक पळयलें आनी ताणें मान सकयल घाली. रंगम्मानूय सत्याक पळयलें. इतल्यांत अप्पाचो विचित्र आड्डी मारपाचो आवाज सत्याच्या कानार पडलो. सत्यान थंय वळून पळयलें. हातांत पूजेचें साहित्य घेवन येतल्या श्रीनिवासाचे बायलेकडेन हात दाखयत तो किळांच मारतालो, 'हो गर्भ रावचो ना. हें बीं किल्लोवचें ना. ही वाल वाडची ना.' हींच उतरां परतीं परतीं मंत्र म्हणिल्लेभाशेन व्हडल्यान म्हणटालो... 'हो गर्भ रावचो ना. हें बी किल्लोवचें ना, ही वाल वाडची ना...'

रंगम्मा आनी तिगेली सून दोगांय जाग्यार दशिल्लेवरी उबीं रावलीं. श्रीनिवासान तेवटेन पळयलें ना. हातांतली बेताची बडी वयर उबारून व्हडलो गौडाय आड्डलो, 'ये सुण्या, बुरशें उलयता? हांगाच्यान वता काय दोंको मोडूं तुजो?' इतल्यांत देवळांतल्यान. जरीदेगेचें पुडवें न्हेशिल्लो, बोटांत मुदयो घाल्ल्यो आनी सिल्काचो शर्ट घाल्लो वेंकटेश भायर आयलो. वेंकटरमणय्यान आपलीं उतरां थांबयलीं नात. 'हो गर्भ उरचो ना. हें बी किल्लोवचें ना...'

सत्या ताचेकडेन गेलें. ताचो हात धरून 'अप्पा, असलीं उतरां तुज्या तोंडातल्यान येवपाक जायनात. आश्रमांत वचुंया यो.' अशें म्हणून ताका मुखार ओडलो. ताका विरोध करिनासतना अप्पा सत्या फाटोफाट वचपाक लागलो. पूण तोंडातल्यान उतरां येवपाचीं मात बंद जावंनाशिल्लीं... 'हो गर्भ उरचो ना, हें बीं...'

अप्पा भाटांत येवन कुंडाकडेन बसतकूच 'हो गर्भ उरचो ना' हीं उतरां बंद जाल्लीं. सत्यान मागीर खोंपींत वचून दाळी तोपावयलें धांपणें काडून पळयलें. सत्याचें मन मात विचलित जाल्लें. जें घडलें तें अकस्मात घडलें. गांवात येतकीच लेगीत ते अशे देवळांत वतले हाची ताका जाणविकाय नाशिल्ली. कळपाचो कसलोच मार्ग नाशिल्लो. आपणें असल्या वेळार थंय आसूंक जायनाशिल्लें अशें सत्याक मनांतल्यान दिसपाक लागलें. अप्पान लेगीत अशें म्हणप न्ही आशिल्लें. इतले दीस दपटून दवरिल्ल्यो भावना आतां फणो काडून उब्यो रावल्यो. सत्याच्या दोळ्यांमुखार परतें परतें श्रीनिवासाचे बायलेचें पोट येतालें. रान्नीवयली शिजता ती दाळ आनी पेट्टा ती चूल हातुंतलें कांयच ताका सारकें दिसनाशिल्लें. तेंच चित्र, ताचे बायलेचें पोट परतें परतें... अकस्मात सत्याचे दोळे दुकांनीं भरले. भितरल्यान हिमट्यो येवंक लागल्यो. आपूण खंय आसा हाचो विचार करिनासतना तें रडूंक लागलें. दोन तीन मिणटांनी ताणें आपल्याक सावरून घेतलें आनी दोळे पुसले. 'म्हाका कित्याक ही दुर्बळकाय' अशें ताणें आपल्याकूच समजायलें. 'अप्पाचीं उतरां खरीं जावचीं न्हय. कोणाचेंय वायट जावचें न्हय.' अशें मनांतल्या मनांत ताणें म्हणलें.

**4**

त्या दिसा लेगीत सत्या गांवांत गेलें ना. दुसऱ्याय दिसा गेलें ना. ताच्या दुसऱ्या दिसा सत्यान दूद हाडून दिता त्या नोकराकडेन निरोप धाडलो. 'फाल्यां नाजाल्यार परां हांव घरा येतलें म्हूण सांग. सगळें उलोवपाचें आसा.' आतां अप्पाच्या दुयेंसाचो विचार करपासारकी ताची मनस्थिती उरूंक नाशिल्ली. देवळाकडेन दिशिल्लो श्रीनिवास, ताची बायल, आनी ताचेपरस तिगेल्या गुरवारपणाच्या पोटानच सत्याचें मन भरून गेल्लें. त्या दिसा आनी ताच्या दुसऱ्या दिसा तें पुरायपणान निर्शेवणेंत बुडून गेल्लें. सांजवेळमेरेन मन मागीर थाऱ्यार आयलें. अप्पा सकाळ-सांज हवन करतालो. सत्यान केल्लें रांदप तो फकत दनपरांच जेवतालो. 'अरुंधतीक सोदतां' म्हणून खोपींतल्यान भायर सरून भाटाक भोंवताडो घालून वा देवळाकडेन वचून येतालो. ही अरुंधती कोण हाचें कुवाडें अजून सत्याच्यान सोडोवंक जावंक नाशिल्लें. आनी हो प्रस्न ताका परतो परतो सतायतालो. एकाद्रें वेंकटेशाक खबर आसतली अशें येवजून, 'हांव घराकडेन वचून येतां' अशें अप्पाक सांगून तें गांवांत वचपाक भायर सरलें. अप्पांचे वागणूकेविशीं सगळी विस्कटावणी करून सत्यान वेंकटेशाक 'अरुंधती

कोण' हो प्रश्न विचारलो तेन्ना ताकाय कांयच सुचलें ना. मात्सो वेळ विचार करून ताणें म्हणलें, 'अरुंधती म्हणल्यार चांडाळकन्या. मांगाच्या समाजांतली. पूण असले एकाद्रे बायलेची अप्पान याद काडप शक्यूच ना. आतां अप्पा स्वताक वसिष्ठ ब्रह्मर्षी म्हूण समजतात आनी त्याच भ्रमांत आसतात न्हय तेखातीर एकाद्रें ते तशें म्हणटात आसुंये.'

सत्यान विचार केलो. मात्शा वेळान ताणें म्हणलें, 'जाल्यार, मागीर तांणी 'व्हाळाचे पलतडीं वचूं नाका. थंय राकेसलोक आसात.' अशें कित्याक म्हणलें आसतलें? सुणें चाबिल्लो विशय काडल्यार ते तिडकतात. अशें कित्याक?'

'कांयच कळना -' वेंकटेशान म्हणलें.

मात्सो वेळ घराकडेन रावन सत्या भाटांत गेलें. मनांतलो अरुंधतीचो विशय परतो परतो सतायतालो.

भाटांत येवन रांदप करून अप्पाकूय वाडलें आनी आपूणय जेवलें. अकस्मात ताका बेट्टय्यांची याद जाली. फाल्यां असेंब्ली सोंपता. सांजेचे निमाणे बशीचेर आयल्यात आसतले. ते आपूण जावन भाटांत येतात काय कोण जाणा! ते आयल्यार लेगीत अप्पाच्या मुखार कितेंच उलोवपाक जावचें ना. हांवेंच तांच्या म्हऱ्यांत वचून ह्या विशयाचेर उलयल्यार बरें अशें सत्यान मनांत म्हणलें. अप्पा कुंडाचे देगेर बसून 'ब्रह्मर्षी, ब्रह्मर्षी' अशें म्हणटालो. सत्या ताच्या म्हऱ्यांत गेलें, 'अप्पा, कपडे उमळपाचो शाबू जाय. सकाळीं घेवन येवपाक विसरलें. गांवांत वचून येतां.' अशें सांगून तें थंयच्यान गेलें. वंयेचें दार धांपून देवळाचे दिकेन चलत गेलें आनी तळ्याकडचो चडाव चडून मुखार गेलें. दावेवाटेन खूब उदक पातळिल्लें. बांद फाटीं पडटकूच कांय अंतराचेर रस्त्याच्या मोडणाचेर 'हरिजन कॉलनी' अशी फातराची फरशी बसयिल्ली. त्या रस्त्यान वळून मुखार वतकूच मंगळूरी नळ्यांची हरिजन कॉलनी नदरेक पडली. थंयच्यान काय अंतराचेर सत्या थांबलें. लागसारूच दोन भुरगे कसल्यातरी कारणाक लागून एकामेकांकडेन झगडटाले. तातुंतल्या एकल्याक सत्यान विचारलें, 'घरांत बेट्टय्या आसल्यार तांकां आपय.'

भुरगो धांवन गेलो. पांच मिणटांनी सुमार अठ्ठावीस - तीस वर्सांचो तरणाटो मुखार आयलो. सांवळ्या रंगाच्या तरणाट्यान धवोफुल्ल मोटव्या हातांचो शर्ट आनी पँट घाल्ली. दावे वाटेन मागो काडून केंस वेवस्थित वळयिल्ले. पूण आपल्या वया मानान मातलेगीत मानवनाशिल्ल्या तागेल्या मोठ्या मिश्यांनी तागेल्या नाकाचें तेंमूर आनी ओंठ दिसनाशिल्ले. सामके धांपिल्ले. तो लागीं पावलो तशी ताका ताची वळख पटली. हो बेट्टय्याचो चलो मोहनदास म्हूण.

कॉलेजींत बी.ए. नापास जावन आतां तुमकूरांत चपलां-बुटांचें व्हडलें दुकान घालां. सत्यान ताका पळयल्यार पांच-स वर्सां जाल्लीं. तोय सत्याक वळखलो. दोगांय एकमेकांक वळखतालीं तरीय आयजमेरेन एकमेकांकडेन उलोवपाचो प्रसंग येवं नाशिल्लो. तो शिकूंक ह्या गांवात नाशिल्लो. त्यावेळार ह्या गांवात म्हारांखातीर शाळा नाशिल्ल्यो. म्हऱ्यांत येवन ताणें विचारलें, 'कितें जाय आशिल्लें?'

'तुगेल्या बापायक मेळपाक जाय आशिल्लें.'

'भाटांत गेल्यात ते.'

'म्हत्वाचें काम आशिल्लें. मात्शें ताका आपोवन हाडल्यार बरें जातलें आशिल्लें. हांव हांगाच रावन वाट पळयतां.'

'बरें' अशें म्हणून तो गेलो. धा पावलां मुखार वतकीच परतो फाटल्यान आयलो म्हणलें, 'हांगाच रावता? आमच्या घरांत बसपाक जायना? इतलें अनवाळें?'

ताच्या आवाजावयल्यान आनी उलोवपाची रीत पळयल्यार तो झगडाळ कसो दिसतालो. सत्यान नमळायेन सांगलें, 'तसलें कांय म्हज्या मनांत ना. हांव आयलें जाल्यार तुमच्या लोकांक मानवचें ना.'

'तुमकांच येवपाक नाका म्हणून फटीची काणी रचून ताचेर आमच्या लोकांचो विस्वास बसतलो अशें तुमीच केलां. आमचेर दोश दवरपाखातीर.'

मोहनदासान कितलोय येत्न केल्यार लेगीत आपूण झगडचेंना अशें सत्यान मनांतल्या मनांत थारायिल्लें. सत्यान म्हणलें, 'कोणे काणी रचल्या हाचो आतां वाद घालूंक नाका. चल, हांव येतां तुमच्या घराकडेन-' तागेल्या ह्या निर्णयाक लागून तो गडबडलो. तागेले अपेक्षेचे भायर आशिल्लें तें. मुखार कितें उलोवचें तेंच ताका कळ्ळें ना आनी तो हारिल्लेवरी ओग्गी उबो रावलो. सत्यानच फुडें म्हणलें, 'तुगेल्या उतराचेर हांव येतां. तुमगेले लोक झगडचे नात वा शेणाचे लोळे मारचे नात हें पळोवपाची पुराय जापसालदारकी तुमची. बरें तुमी मुखार वचात.'

आतां तो पुरायेन हरलो. कांयच उलयनासतना तो चलूंक लागलो. सत्या लेगीत ताच्या फाटोफाट गेलें. ते वसतेंतल्या मदेकांत बेट्टय्याचें व्हडलें घर. ही कॉलनी सत्यान आयजवेर फकत रस्त्यावयल्यान पळयिल्ली. इतल्या म्हऱ्यांतल्यान पळोवपाचो प्रसंगूच येवं नाशिल्लो. प्रत्येक घराच्या मुखार, वारांदार बसून व्हाणो शिवपाचें काम चलतालें. बेट्टय्याच्या घराकूय व्हडलो वारांद आशिल्लो. ताका लागून एक कूड आशिल्ली. दार उक्तेंच आशिल्लें. तातूंत

नव्यो व्हाणांच्यो राशी पडिल्ल्यो. दाराचे दावे वटेन मान्नें आशिल्लें. मुखावयले भितरले वणटीर गांधीजींचो व्हडलो फोटो आशिल्लो. त्या फोटवा सकयल मेज आशिल्लें. भोंवतणी चार-पांच लाकडी कदेलां आशिल्लीं. 'भितर येयात' अशें म्हणटा म्हणटा मोहनदास थांबलो आनी म्हणूंक लागलो. 'रावात, कदेल हाडटां' आनी मागीर भितर वचून एक लाकडी कदेल हाडून वारांदार दवरलें. आनी ताचेर सत्या बसलें आनी ताणें म्हणलें, 'तुगेल्या बापायक आपोवणें धाडटा न्हय?'

मोहनदासान शेजराच घरामुखार खेळटल्या भुरग्यांपैकी एकल्याक उलो मारलो आनी सांगलें 'मात्सो वच, भाटांत वचून म्हगेल्या बापायक आपोवन हाड आनी सांग कोणतरी मेळपाक आयला म्हूण.' आनी ताका धाडलो. मागीर सत्याक ताणे विचारलें 'कॉफी पितली तूं?'

'इतल्या दनपारच्या कडार हांव पिना.'

'कित्याक? अनवाळें म्हणून?' परतो ताच्या आवाजांत तो झगडाळपणा दिसतालो. पूण सत्यान शांततायेन म्हणलें. 'तुमकां तशें दिसता जाल्यार कॉफी दी. हांव पिता.'

तो भितर गेलो, आनी आवयक कॉफी करपाक लावन परतो भायर आयलो. मुखार कितें उलोवपाचें आनी झगडीं कशीं उकसून काडपाचीं हें मोहनदासाक कळना जालें. पँटाच्या बॉल्सांतल्यान एक सिगरेट काडून ताणें पेटयली आनी ओडपाक सुरवात केली. मात्शें दुर्लक्ष जालें जाल्यार ताची मिशी जळटाशिल्ली. भितरले कुडींत पडिल्ले जोत्यांचे राशीक पळोवन सत्यान म्हणलें, 'तुमगेलो तुमकूरांत वेपार आसा अशें आयकल्लें. सगळ्यो व्हाणो हांगाच्यान व्हरतात?'

'हो सायड बिझनेस. हांवें बाटा, कानपूर जोत्यांच्यो मुखेल एजन्सी घेतल्यात. एक सेल्स क्लार्क, आनी दोन सेल्स बॉयज आसात. सेल्स क्लार्क तुमगेल्या ब्राह्मणां पैकीं. एक सेल्स बॉय गौडा. आनी दुसरो ब्राह्मण.'

तागेली ही गरजेभायर उलोवणीं ताका चाळोवपाखातीर आशिल्लीं. सत्यान म्हणलें, 'आसल्यार कितें जालें?'

'यस्! अ मॅटर ऑफ फॅक्ट म्हूण सांगलें इतलेंच.' अशें म्हणून सिगारेट जोरान फुस्कायली.

तागेल्या उलोवण्यांत एक गजाल स्पश्टपणान जाणवताली. ती म्हणल्यार तागेले उच्चार गांवठी नाशिल्ले. सामके शुद्ध पुस्तकी आशिल्ले. शाळेंतल्या विद्यार्थ्यांक व्याकरणाचे मास्तर शिकयतात तशे स्पश्ट उच्चार आशिल्ले.

तागेल्या बापायचें उलोवणें सामकें हेर हरिजनासारकें नासलें तरी ब्राह्मणाचें अनुकरण करपाची खटपट करिनासतना ते सहजतायेन उलयताले.

धा मिणटांनीं बेट्टय्या आयलो. सत्याक आपले वसतेंतूच न्हय तर घरांत पळोवन अजाप दिसलें. बेट्टय्यान पयलीं हात जोडून नमस्कार केलो. एक कदेल ओडून हाडून ताचेर बसलो. मोहनदासान भितर वचून दोन कांचेच्या ग्लासांत कॉफी हाडली. तें पळोवन बेट्टय्यान म्हणलें, 'तांकां कॉफी दिवंनाका.'

'दिल्यार कितें जाता?' मोहनदासान विचारलें.

'ही विंगड गजाल. आमी तांकां दिवप न्हय.'

'ना, हांवेंच पिता म्हूण सांगिल्लें' सत्यान सांगलें.

'ताणें पिल्यार कितें जाता अशें म्हणलें म्हूण तुमी पिवपाक तयार जाल्यो दिसता. आमच्या घरांत तुमी पिवप न्ही. एक कातलेचो कुडको आनी गोडाचो खडो हाडून दी.' अशें मोहनदासाक उद्देशून म्हणलें आनी आपणे आपलो काफयेचो ग्लास हातांत घेतलो. मोहनदासाक अपमान जाल्लेवरी जालो आनी तो भितर गेलो पूण कातली आनी गोड घेवन आयलो ना. बेट्टय्याच आपलो ग्लास सकयल दवरून भितर वचून, एका कागदाचेर एक कातलेचो कुडको आनी गोडाचो खडो हाडून सत्याक दिलो आनी आपूण कॉफी पिवंक लागलो. सत्याच आपल्याक सोदीत हांगा आयलां म्हणल्यार सामकें अर्जंट काम आसतलें आनी तेंयबी बापायचेविशीं आसतलें असो विचार करून बेट्टय्यान विचारलें. 'अप्पाजी कशे आसात?'

'तेंच सांगपाक म्हूण आयिल्लें. म्हाका तुमची मजत जाय. खंयूय भायर वचून उलोवंया.'

ताणें कॉफी पिवन सोंपयली. सत्यानूय इल्लीशी कातली आनी गोड घेवन खालें. दोगांय तळेबांदाकडेन गेलीं. मोहनदास भितरल्यान भायर आयलो ना. दोगांय तळ्याचें उदक व्हांवता थंय कांय अंतराचेर एका फातराचेर बसलीं. सत्यान आपल्या बापायचें वागप, उलोवप हेविशीं ताका विस्तारान सांगलें आनी म्हणलें, 'तांचो खंयचेतरी बायलेकडेन संबंध आसतलो अशें म्हाका दिसता. हालींची गजाल न्हय. आतां तिचो आनी अप्पांचो संपर्क सुटला आसुंये. ती कोण आसतली हें कळपाक जाय. कितेंय करून तांकां दवाखान्यांत घेवन वचपाक जाय. थंयच्या दोतोरांक हो दुबाव उक्तावन दाखोवंक जाय. दोतोरान तिकाय घेवन यो म्हूण सांगल्यार आमी घेवन येवपाक जाय. म्हाका दिसता. तुमचे वसतेंतली कोणतरी आसतली.'

बेट्टय्यान विचार करून पळयलो. तांचे म्हायतीप्रमाण तशी कोणूच नाशिल्ली. पूण हातूंत अशक्य लेगीत नाशिल्लें. आपले वा शेजराचे म्हार वसतेंतल्या बायलांचे गांवातल्या वयल्या जातींतल्या दादल्यांकडेन संबंद आसप हातूंत कांयच नवीदाद नाशिल्ली. पयलींसावन चालीक लागिल्ली गजाल. गांधी आश्रमांतल्यान आयिल्लो तेन्ना ताणें हाका विरोध केल्लो. ताणें हे वसतेंतल्या लोकांक घर आनी जमीन मेळोवन दितकूच आनी ते आमदार म्हूण निवडून येतकूच ताच्या उतराक मान दिवन खूब जाणांनी आतां अशें वागप सोडून दिल्लें. 'तशें करपाक जायना. तें पातक' अशें तांकां समजावन सांगिल्लें. पूण उजवे हातवाले म्हार आमचें खंय आयकतात? थंय असली बायल आसतली काय? आनी म्हत्वाचें म्हणल्यार देवाचे पुरोयत अशे वागतले? हो विचार ताणें उलोवन दाखयतकीच सत्यान म्हणलें 'हांवें एक शक्यताय सांगली. तेंच खरें म्हूण सांगपाक जावचें ना. पूण हें खरें आसल्यार तातूंत अजाप दिसपासारकें कांयच ना.'

बेट्टय्याकूय हें पटलें, 'हांव सावकासायेन चवकशी करतां आनी तशें कितेंय कळ्ळें जाल्यार हांव तुमकां येवन सांगता.'

'तुमी भाटांत येवंनाकात. तांचेमुखार आमकां हाचेर उलोवपाक मेळचें ना. तेपरस तुमी नोकराकडल्यान निरोप धाडात. शेठजी आयल्यात. बेंगळूरात रजेचो अर्ज बरोवन दिलो ना खंय. बेगीन बरोवन धाडूंक जाय खंय. मागीर तें हांव सारकें समजून घेतां कितें समजुपाचें तें.' अशें सांगून सत्या थंयच्यान गेलें. सत्याक पावोवपाक वांगडा बेट्टय्या आयलो. दोगांयनी चडाव काडलो आनी बांदाचे पलतडी पावलीं. मुखार तांकां एक चली मेळ्ळें. सुमार सत्याइतल्याच वर्सांचें. काळो रंग, आकर्शक चेहरो, उठून दिसपी व्हडल्या पदराची हळडुवी रेशमी साडी ताच्या आंगार आशिल्ली. पोल्काक लायिल्लें पेन पदरांतल्यान दिश्टी पडटालें. ताच्या पायांत कानपूरी जोतीं दिसतालीं. दावेवटेन मागो काडून ताणें केंसाचो आंबाडो घाल्लो. कपलार वांटकुळो कुकूम लायिल्लो. दाव्या हातांत दोन पुस्तकां आनी एक चोपडी आशिल्ली. दोगांकूय पळोवन तें रावलें. बेट्टय्यान सांगलें, 'ही म्हजी चली. तुमी ताका पळयलें ना दिसता. हांवें सांगिल्लें न्हय. ह्याच गांवांतल्या मिडल स्कुलांत तें शिक्षिका आसा. म्हूण.'

'कशें आसा मीरा?' अशें सत्यान विचारलें.

जाल्यार परतें कितें उलोवपाचें हें मीराक कळ्ळें ना. तागेलो चेहरो लजेन तांबडो जालो. दोनूय हात जोडून तें तशेंच उबें रावलें. बेट्टय्यानूच म्हणलें, 'तें तुमकां खूब मानता.'

'आनीक कायं दीस हांव हांगाच आसतलें. परतीं मेळुंया. उलोवया.' अशें सांगून सत्या मुखार गेलें मीरा आपल्या घराकडेन वळ्ळें. बेट्टय्या अर्दे वाटेर येवन सत्याक मुखार धाडून आपुणूय घरा परतलो.

सत्या भाटांत पावलें तेन्ना सूर्य अस्ताक वतालो. अप्पा कुंडा म्हऱ्यांत बसून मंत्र पुटपुटत बशिल्लो. तूं इतलो वेळ खंय आशिल्लें, कित्याक आयलें ना? अशें कांयच विचारलें ना. शाबू हाडूंक म्हूण गेल्लें, खंय तो? - अशें विचारलें जाल्यार कसली अवस्था जातली अशें म्हूण सत्या मात्शें भियेल्लें. पूण ताणें तशें कायंच विचारलें ना. तें मोन्यांनी खोंपींत वचून हवनकुंडा म्हऱ्यांत वचून बसलें. मात्शा वेळान ताका याद जाली. दनपरां दूद तापोवन दवरूंक नाशिल्लें. तशेंच दवरल्यार विटखळटलें. रान्नींतले इंगळे पालवल्ले. हवन-कुंडांत लेगीत उजो नाशिल्लो. रांदन पेटोवपाक फस्क सोदल्यार तेंय मेळना जालें. भितर सगळ्याक सोदलें. अप्पाक विचारपाक भायर आयल्यार ते खंयतरी गेल्ले. परतें खोंपींत वचून सगळ्यांक सोदतना ताणें जानवें दवरिल्ली पिशवी पळयली. तातूंत हात घालून पळयलो. चार पार जानव्याचे, उजवातेचीं बंडलां, एक रेशमी उपरणी, आनीकूय कसलें सामान आशिल्लें. ताचेपोंदा एक कपड्याची ल्हान पोटली आशिल्ली. गांठ सोडून पळयल्यार तातूंत नोटींची कवळी आशिल्ली. सत्यान नोटी मेजल्यो. शंबराच्यो वीस नोटी आशिल्ल्यो. नोटी नव्यो करकरीत आशिल्ल्यो. निकत्योच बँकेंतल्यान हाडून दवरिल्लेवरी दिसताल्यो. हातांत नोटी धरून ताचोच विचार करीत तशेंच बसलें. इतल्यांत भायल्यान अप्पा आयलो. सत्या भियेलें. कित्याक हात लायलो ताका म्हूण आपल्याक तापयतले अशें ताका दिसलें. पूण तो तिडकलो ना. सत्यान धिटायेन विचारलें, 'इतले पयशे हांगा कित्याक दवरल्यात?'

'यज्ञाखातीर म्हूण इंद्रावांगडा भूलोकांत गेल्लों. ऋषीपत्नी कित्याक आयली ना अशें चक्राधिपतीन विचारलें. हांवें सांगलें, ती कुळारा गेल्या म्हूण. 'वसिष्ठ बायलेखातीर भेट' म्हूण हे म्हाका अर्पण केल्यात.'

'हांगा कित्याक दवरल्यात? कोणेय चोरल्यार?'

'वसिष्ठाच्या आश्रमातलें धन चोरपाक खंयच्या राकेसाक कापास्ताद आसा? अरुंधतीच्या वांट्याचें धन हांगाच आसपाक जाय.'

सत्यान मुखार कांयच विचारलें ना. ताणें नोटी परत्यो त्याच कपड्यांत गुठलावन दवरल्यो आनी पोटली पिशवेंत घालून आशिल्ल्या त्या जाग्यार वांश्याक आडवी लायिल्ले बडयेक हुमकळायली.

## 5

सत्यान आनीक दोन दीस वाट पळयली. वेंकटेशान परतें आपोवणें धाडलें. दनपारचें जेवण जातकूच गांवांत वचून सत्यान सगळी खबर ताच्या कानार घाली. नवे नोटींचो विशय सांगतकूच, ते बँकेतल्यान काडून हाडल्यात आसतले असो दुबाव उक्तायलो. सत्याक मेळपाक बेंगळूरांत वचून येतसावन अप्पा गांव सोडून खंयच वचूंक नाशिल्ले. बेंगळूरांतल्यान येतना ते तावरेकेरेकडल्यान आयल्यात दिसता असो निश्कर्श काडलो. 'तसली कोणूय आसल्यार तिका हे दोन हजार दिवप म्हणल्यार कितें ल्हान भुरग्यांचो खेळ?' वेंकटेशान म्हणलें.

'आतां असो विचार करपाक जायना. पयलीं विशय जाणून घेवंक जाय. पयलीं तांची भलायकी सुदारपाक जाय. आमची आस्पत पळयत जाल्यार दोन हजार म्हणल्यार इतलो व्हडलो पोटलो काय न्हय.' अशें म्हणून सत्यान ताका समजायलो. 'बेट्टय्या गुपीत चवकशी करतले. तूंय बारीकसाणेन जाणून घेवपाचो येत्न कर.' अशें सांगून सत्या परतें भाटांत गेलें.

सत्याचो विचार वेंकटेशाक मात लेगीत आवडलो ना. तरणेपणांत वा हालींसरा केन्नातरी आमगेल्या अप्पान एकाद्रे बायलेक लागीं केल्या आसतली. तातूंत विशेश अशें कांय ना. पूण ही गजाल इतली मनाक लावन घेवन तिका अरुंधती म्हणप म्हणल्यार! तांगेली तकली खऱ्यांनीच आवटी जाल्या दिसता. आनी हें शाणें सत्या, ती कोण म्हूण सोदता! समज ती मेळ्ळी आनी आमगेल्या अप्पान पिशेंपणान तिचेकडेन लग्न करतलो म्हणलें जाल्यार हें म्हणटलें 'बरें. हांव तिका चिक्कम्मा (धाकटी आवय) म्हणटलें.' सत्याक अप्पान कॉलेजींत घालून वाट लायली. पूण सत्यामुखार ताचो उच्चार करपाची वेंकटेशाक धिटाय जायनाशिल्ली.

तटबंदीच्या दारांतल्यान भायर सरून सत्या भाटाचे वटेन वळ्ळें. पूण तागेली नदर आपसुकूच दावेवटेन आशिल्ल्या देवळाकडेन गेली. दोन फर्लांग पयस सकयले वटेन एका ल्हान उंचायेर आशिल्ल्या देवळा मुखार धा-बारा जाण उबे आशिल्ले. तातुंतली एक व्यक्ती म्हणल्यार अप्पा हें सत्या रोखडेंच वळखलें. लंगोटेशिवाय आंगार आनीक कांयच नाशिल्लें. गळ्यांत कितले तरी जानव्याचे पोड आशिल्ले. माथ्याचे केंस अस्ताव्यस्त. ताच्या मुखार हातांत बॅग घेवन व्हडल्यान उलोवपी तरणाटो बेट्टय्याचो चलो मोहनदास आसतलो अशें सत्याक दिसलें. वारें सत्या कडल्यान उरफाटें व्हांवतालें म्हूण कांय आयकूंक

येनाशिल्लें. पूण ते व्हडल्यान झगडटाले अशेंच दिसतालें. सत्या देवळाकडेन वळ्ळें आनी झरझरीत पावलांनी थंय गेलें. लागीं पावतकूच सत्याच्या कानार मोहनदासाचे शब्द पडले, 'ह्या वयल्या जातींतल्या लोकांक मस्ती चडल्या. ए ब्राह्मणा! ती कोण हें आमका मात्शें कळूं दी. तुजेर केस करून दंड वसूल करून घेतलों काय ना तें पळय! आमगेलीं मनशां म्हणल्यार कितें दिसलें तुका? आमीच आदीं द्रविड. हे धर्तरेचेर पयलो अधिकार आमचोच आसा.'

मोहनदासाच्या उलोवण्यान भियेल्ले लोक 'आसूं सायबा, त्या पिशाकडेन कसलो वाद घालता?' अशें म्हणून ताका फुसलायताले. पूण ताचो उरफाटो परिणाम जावन मोहनदास चडूच तिडकुपाक लागिल्लो. 'हांव ओग्गी बसूं? हे वयले जातींत जे मिशयेकार खरे दादले आसात तांकां सगळ्यांक पंचायतीमुखार बसयतां. ह्या पुरोयताक हांवूच न्याय विचारतां. चार लोकांमुखार मंगळसूत्र बांदलेबगर हांव सोडचो ना!'

अप्पानूय मोठ्यान जाप दिली. 'वसिष्ठ स्राप म्हणल्यार कितें हें ह्या मूर्खाक आजून खबर ना. ब्रह्मदंडाचो उपेग करतलों.' तितले म्हणसर सत्या थंय पावलें. ताका पळोवन अप्पा ओग्गी रावलो. सत्यान मोहनदासाकडेन वळून म्हणलें, 'तुमचें हें वागप योग्य न्हय.'

मोहनदासाच्या तोंडातल्यान उतर सुटना जालें. सत्यान मुखार म्हणलें, 'ते दुयेंत आसात. तांकां कितें केल्यार गूण येतलो ह्या विचारांत आमी आसात आनी त्रास काडटात. तातूंत तुमीय पिशांवरी वागप हें समा न्हय.'

'आमची जात म्हणल्यार तांकां...' मोहनदासाचें उलोवणें मदींच तोडून सत्यान म्हणलें, 'तुमच्या जातीचे तुमी मुखेली न्हय. तो अधिकार तुज्या बापायचो. तुमी ह्या गांवाचेय मुखेली नात. तुमकां तुमगेलो रेस्पेद जाय जाल्यार हांगाच्यान मोन्यांनी वचात. देवूळ हें काय झगडपाचें स्थान न्हय.'

भोंवतणी जमिल्ल्या लोकांनीय म्हणलें - 'खरें आसा. खरें आसा.' मांगाचो चलो देवळाकडेन आयिल्लो तांकां आवडूंक नाशिल्लें. पूण तशें सांगपाची धिटाय तांच्या आंगांत नाशिल्ली. सत्याचे धिटायेची तांकां लक्तुबाय दिसली. तातुंतल्या एकल्यान म्हणलें, 'पयलीं हांगाच्यान वच पळोवया, व्हडलो आयला बापायचो पूत!' हें आयकून ताका लज जाली. तागेलो बॅग घेतिल्लो हात थरथरपाक लागलो. तो सट्‌करून वळ्ळो आनी देंवन आपले वसतेकडेन गेलो.

थंय आशिल्ल्या लोकांनी सत्याक कितें घडलें तें सगळें सांगपाक सुरवात केली. तांचेपैकीं माध्व समाजांतले देवळाचे प्राकारांत घुलांनी खेळटाले खंय.

हेर शेतांत काम करताले. वेंकटरमणय्या तळ्याबांद हुपून देवळाकडेन येतालो. बांदावयल्यान आपले वसतेंत वतासतना मोहनदासान ताका पळयलो. मुद्दाम झगडपाखातीर म्हूण हांगासर येवन वेंकटरमणय्याकडेन झगडूंक लागलो. तागेलो झगडपाचो नेट इतलो आशिल्लो धा-बारा जाण आसून लेगीत ताका आडावंक जालें ना. वसिष्ठ, आश्रम, स्राप आनी हाचेबगर वेंकटरमणय्याक दुसरें कांयच कळना अशेंय लोकांनी उलोवन दाखयलें.

अप्पाक घेवन सत्या भाटांत आयलें ब्रह्मदंड, ब्रह्मस्राप अशे शब्दूच तो पावलां कणकणीं म्हणटालो. खोंपीत येतकूच अग्नीकुंडात अग्नी पेटोवन ताणें मंत्र म्हणपाक सुरवात केली. सूर्य अस्ताक वचपाक आनीक दोन वरां आशिल्लीं. ह्यावेळार ते हवन करिनासले. ते कितें करतात तें करूं दी म्हूण सत्या कुंडाच्या धडेर वचून बसलें. मोहनदासाची मस्ती आनी झगडाळपणाची परती परती याद जावंक लागली. तो काय गरीब न्हय. तागेल्या बापायन पांचशीं माडाचें भाट उबें केलां. बरें घर. बापायक असेंब्लीचो पगार आनी भत्तो येता. तुमकूरांत बूट-चपलांचो वेपार बेसबरो चलता खंय. पूण बापायकडेन आशिल्लें पासियेंस आनी समाधान हांचो अंश लेगीत मोहनदासाचे भितर ना. ही असहिष्णुता कित्याक? आपले पुराय जातीचेर जाल्लो अन्याय आपणें एकल्यानूच भोगिल्लेवरी, पुराय जातीची जापसालदारकी आपल्याचेर आशिल्लेवरी ताचें वागप आनी उलोवप. ताच्या वागपांत एकेतरेचो नाटकीपणा आशिल्ल्याचें सत्याक दिसून आयलें. कॉलेजींत बी.ए. मेरेन शिकिल्ल्याक मानसिक दुयेंतीकडेन झगडूंक जायना इतलेंय ताका कळ्ळें ना. मूर्ख. अशें सत्यान म्हणलें.

आयज तिसरो दीस उजवाडलो तरिकूय बेट्टय्यान कसलोच निरोप धाडलो ना. ताका अजून कसलीच सुलूस लागली ना काय? हांवूच आनीक एक फावट वचून येवं? असो विचार सत्यान केलो. पूण तागेलो चलो आतांच घराकडेन गेला ताची याद जाली आनी आपणे थंय वचचें न्हय अशें सत्यान थारायलें. इतल्यांत कोणतरी ल्हवू ल्हवू चलत थंय आयलो. वर्सां चाळीस आसतलीं. गळ्यांत रुप्याचें लॉकेट, हातांत रुप्याचो कडो. पळयल्यार तो बेट्टय्याचे वसतेंतलो आसतलो हें सत्याच्या लक्षांत आयलें. सुमार वीस पावलां पयसुल्ल्यान ताणें हेवटेन - तेवटेन पळयलें आनी सत्याक हाताचे कुरवेन आपयलें. तें उठून थंय गेलें. खोंपीतल्यान मंत्र आयकूंक येताले. तो भाटाचे वंयेच्या दाराकडेन येवन उबो रावलो. तेंय ताच्या फाटोफाट गेलें. थंय उबो रावन ल्हव आवाजात सांगपाक लागलो, 'बेट्टय्यान सकाळींच तुमकां घेवन

येवपाक सांगिल्लें. हांव आयिल्लों, पूण तुमी हांगा नाशिल्लीं. धनी 'राकेस' म्हूण म्हाका मारपाक आयलो.'

'बेट्टटय्यान कितें सांगलें?'

'तुमकां घेवन येवपाक सांगलां.'

मात्सो विचार करून सत्यान म्हणलें, 'हांव आतां तुमगेले वसतेंत येना म्हूण सांग. तळेबांदाकडेन येतां. तांकांय थंयूच येवपाक सांग.'

तो थंयच्यान गेलो. सत्याक कांय वेळ कांयच येवजना जालें. इतलो बेगीन पत्तो लागलो. कोण आसतली ती? कोणूय आसना, दोतोरांनी सांगल्यार तिचें मन वळोवन दवाखान्यांत लेगीत घेवन वचपाक जाता. फाल्यांच अप्पाक बेंगळूरांत पिशांच्या हॉस्पिटलांत घेवन वचपाक जाय. तुमकूरांतल्यान एक भाड्याची मोटार हाडपाक जाय. पूण अप्पाक कितें सांगून गाडयेंत बसोवपाचो? कसलेंतरी यज्ञाचें निमित्य सांगपाक जाय. देवेंद्रान निरोप धाडला म्हूण सांगपाक जाता. तरीलेगीत तांणी कसलेंय निमित्त सांगलें जाल्यार बळजबरेन तांकां मोटारींत व्हरून बसोवपाक जाय. आयजमेरेन तांणी कोणाकूच मार-बडय असले प्रकार केले नात. तेखातीर फोर्सान गाडयेंत बसयल्यार धांवते गाडयेंत बसतकीच ते कांयच करूंक शकचे नात. अशें सत्यान येवजिलें.

बेट्टटय्यांक निरोप पावतकीच तांकां बांदाकडेन येवपाक मात्सो वेळ लागतलो अशें येवजून सत्या पंदरा मिणटां उसरांच भायर सरलें. अजूनमेरेन अप्पा मंत्र व्हडल्यान म्हणत आशिल्लो. भाटांचें दार बंद करून तळेबांद हुपून तें बांदावयल्यान पलतडीत वचपाक पावलां घालूंक लागलें. दावे वटेन विशाल उदका सांठया पलतडीन आशिल्ल्या पाचव्याचार माडां म्हऱ्यांत वचपाखातीर सूर्य ताकतिकेन वतालो. तें पलतडीन पावपाकूच बेट्टटय्या 'हरिजन कॉलनी' नांवाच्या बोर्डाचे कुशीक आशिल्ल्या फातराच्या सोंप्याचेर बशिल्लो. सत्याक पळोवन तो उबो रावन म्हणूंक लागलो, 'आमच्याच घरा वचुंया, चलात.'

'नाका. हांगाच खंयूय जाल्यार बसून उलोवया.'

'हांगा कित्याक रस्त्यार?'

'तुमगेलो चलो घराकडेन आसता. ताका हाचेविशीं सहानुभूती ना अशें दिसता.'

आपलो चलो सहन करूंक शकना हें बेट्टटय्याकूय खबर आशिल्लें. सत्यानूच विचारलें 'आतां चार वरांचेर जाल्ले गजालीविशीं तुमकां खबर आसा?'

'ना कितें जालें?' बेट्टटय्यान विचारलें.

सत्यान जाल्ले घडणुकेविशीं सगळें सांगलें. आयकून बेट्टटय्या सामको खिन्न जालो आनी तांणी म्हणलें, 'शिकतना सांगिल्लें सगळें आयकतालो. आतां ताची लायनूच विंगड जाल्या. महात्मा गांधी वा अहिंसेचें नांव काडलें जाल्यार रागान सामको फडफडटा. आतां तो क्रांती, आंबेडकर म्हणटा. म्हाका तर ताचो हुस्कोच जाला.'

सत्या उपरांत मुखेल प्रस्नाकडेन वळ्ळें. 'कोण ती कळ्ळी?'

'हय. मातंगी नांवाची एकली आसा तीच. आमचेच वसतेंतली. तिगेलो चलो तुमकूरांतले ए.के. बोर्डींग स्कुलांत शिकता. तुगेल्या अप्पांक पिशें लागलां म्हूण कळटकूच ती खूब दुख्खी जाल्ली. वसतेंत कोणाक खबर ना. म्हजे घरकान्नीक तिणें सगळें सांगलें खंय. हांवेंय चवकशी केली तेन्ना तिणें हेंच सांगलें.'

'पूण तुमगेल्या चल्याक कशें कळ्ळें?'

'ताका अमकीच व्यक्ती म्हूण खबर आसा काय कोण जाणा! त्या दिसा हांवें म्हणिल्लें 'अशी अशी गजाल आसा. व्यक्ती कोण ती सोदूंक जाय.' अशे हांवें बायलेक सांगलें. त्या दिसा तोवूय घराकडेन आशिल्लो. मोहनदासान तें आयकलां काय हिणेंच ताका सांगलां काय कोण जाणा. त्या दिसा तुमकूरांत गेल्लो तो आयज परतो आयला. आयज तो कित्याक आयला तेंय कळना. काल रातीं बायलेन म्हाका सांगलें. सकाळीं मातंगीक आपोवन खात्री करून घेतली. तिवूय कबूल जाली. बारा- तेरा वर्सां पयलींची गजाल खंय ती. आतां तांचेभितर कांयच ना खंय.'

'ती आपयल्यार येवपाची शक्यताय आसा?' सत्यान विचारलें.

'हांव आपोवन हाडटा तिका' अशें सांगून बेट्टटय्या आपले कॉलनीवाटेन गेलो. सत्याक मातंगीक पयलीं पळयिल्ली याद जाताली. फाटीं एक दीस, भाटांत खंयच्यातरी गांवांतल्या लोकांनी तिका आनी म्हाका पळोवन ते आवय-धूव म्हूण समजल्ले. तिगेलो चेहरो सत्याक स्पश्ट याद जावंक लागलो.

इतल्यांत सूर्य अस्ताक वचून सामको काळोख जाल्लो. चार दादले तर्र जावन नाकाशिल्ल्यो गजाली करीत लवंडत गेले. सोऱ्याचो वास सामको नाकांत वतालो. अर्दवरान बेट्टटय्या मातंगीवांगडा आयलो. ताच्या हातांत टॉर्च आशिल्लो. म्हऱ्यांत येवन बेट्टटय्यान म्हणलें. 'रस्त्याकुशीक बसचें न्हय. आमचे वसतेंतले लोक हांगाच हेडत आसतात. तेवटेन वचुंया.'

तिगांय त्याच रस्त्यावयल्यान सुमार देड फर्लांग मुखार गेलीं. मागीर बेट्टटय्या दावे वटेन वळून एका पांयवाटेन अर्द फर्लांग तांकां घेवन गेलो. तिगांय एका व्हडल्या खडपाचेर बसलीं. बेट्टटय्यान मातंगीक म्हणलें, 'हें पळय, कांयच लिपोवंनाका. तें जें विचारतलें ताची सारकी जाप दी.'

ब्राह्मणाचे चलयेक आफुडची न्हय म्हूण मातंगी मात्शी पयस बसली. काळखांत लेगीत ती भियेल्लेवरी बशिल्ली हें सत्याक दिसतालें. मुखेल मुद्याची बेट्टटय्यान विस्कटावणी केल्ल्यान सत्यान कांय तपशील तिका विचारलो 'तांगेलो आनी तुगेलो संबंद कित्याक तुटलो?'

तिका हाची जाप दिवपाक लज दिसूंक लागली. बेट्टटय्या आपूण जावन पयस वचून बसलो. तरीकूय मातंगी लजेवपाक लागली. सत्या तिच्या म्हऱ्यांत वचून तिगेलो हात धरल्यार लेगीत ती भियेवन, खडपाचेर बशिल्ली ती सकयल देंवली. 'तूं भियेंवनाका. हांव कोणाकूच सांगचें ना म्हूण तुका वचन दिवपाखातीर हांवे तुगेल्या हाताक स्पर्श केलो. तुवें कांयच सांगलें नाजाल्यार तांगेलें दुयेंस कमी जावचें ना. खरें सांग. देवाचो सोपूत आसा तुका.' अशें म्हणटकूच मातंगीची वाचा फुटली.

'शिवगेरेच्या वसतेंतल्यान परततकूच परते ते मेळटले असो भंय दिसतालो. घोव-बायलेचें नातें नाशिल्ल्यांनी तशें वागपाक जायना अशें बेट्टटय्याची बायल सुंकव्वानूच सांगिल्लें. म्हूण हांवेंय तें सोडून दिलें.'

एक दोन प्रस्नांक जाप दितकूच मातंगी उरिल्ल्या सगळ्या प्रस्नांक मेकळेपणान विवरण करून सत आसा ती गजाल सांगपाक लागली. आपूण आनी धनी खंय, खंयच्च्या वेळार मेळटालीं सगळें सांगलें. निमणें सत्यान विचारलें 'बेंगळूरांत तांकां घेवन वचपाचें आसा. दोतोरांनी तुका थंय हाड म्हणल्यार तूं येतली?'

'म्हाका भंय दिसता.' अशें मातंगीन म्हणलें.

'भिवपाचें कायंच कारण ना. आनी शिवाय ते आपयतलेच अशें काय ना. मागीर कित्याचो भंय?'

'पूण म्हजो चलो ओगी रावतलो?' मातंगीन विचारलें.

'ताचो कसलो भंय?' सत्यान म्हणलें.

'आगो बाय, ब्राह्मण म्हळ्यारूच ताच्या आंगाक जाळ पडटात.'

'ताका कळचें ना तशें करूंया. तुकाच कसलें दुयेंस जालां, बेट्टटय्यावांगडा वखद हाडपाक वतां अशें सांगून यो. तूं आयली नाजाल्यार एकाद्रे ते मरतले.'

निमणें वाक्य आयकतकूच मातंगीक रडपाक आयलें. ‘तशें म्हणू नाका बाय’ अशें म्हणून तिणें पदरान दोळे पुसले.

सत्यान बेट्टय्याक म्हऱ्यांत आपयलो. तिगांय तळेबांदाचे दिकेन वचपाक लागलीं. मातंगीक कॉलनींत धाडून बेट्टय्या सत्यावांगडा गेलो. भाटाचे वंयेमेरेन ताका पावोवन तो परतलो.

## 6

वेंकटरमणय्या कुंडा म्हऱ्यांत बशिल्लो. हवनकुंडातल्या उज्याचेर गोबोर साठूंक लागिल्लो. ताच्या मंद उजवाडांत अदमासान फस्क सोडून सत्यान लापयांव पेटयलो. लापयांव घेवन भायर वचून ताणें म्हणलें, ‘अप्पा, भितर यो. थंय कितें करता?’

‘जगाची निर्मणी जावचे पयलीं फकत उदक आशिल्लें. उदक म्हणल्यार कितें, व्हडलो उदकाचो सांठो. सगळेकडेन उदकूच उदक. जमीन खंयच दिश्टी पडनाशिल्ली. जमीन अस्तित्वांतूच येवंक नाशिल्ली जाल्यार जमनीचो भाग खंयच्यान येतलो? त्या उदकाच्या मदेंकात एक वडाचें झाड. मागीर...’ अशें म्हूण आपल्याक जें सांगपाचें आशिल्लें तें विसरून गेल्लेवरी परते याद करपाचो येत्न करपाक लागले.

‘तुमकां दर्या पळोवपाची इत्सा आसा?’

‘हय. म्हज्या मनांतलें तुका कशें कळ्ळें? म्हाका दर्यांत, न्हय, म्हासागर... तेंवूय न्हय, मूळ जळराशी, प्रलयजलांत वचपाक जाय अशें दिसता.’

‘तशें जाल्यार आमी अशें करुंया. फाल्यां नाजाल्यार परवां मोटार करून मद्रासाक वचुंया. देगेर बसून जाय तितलो वेळ दर्या पळोवया.’

‘भरती म्हणल्यार कितें तें खबर आसा? भोंवतणचीं झाडां, शेतां, भाटां, घरां, गांव, देवळां-देवळ्यो, पुराय उदकान धापूंक जाय. धर्माची निर्मणी जावचे पयलीं वडाचें झाड - न्हय, एक पिपळाचें पान उदकाचेर तरंगत आयिल्लें. ‘नवे संस्कार...’ अशें म्हणून परते विसरिल्लेवरी थांबून परती याद करपाचो येत्न करपाक लागलो.

‘हय. वादळ आयल्यार अशेंच जाता खंय. पूण हांव तुज्या म्हऱ्यांत आसतलें तेन्ना.’

‘तेन्ना तूं थंय कशें आसतलें? हांव तरी खंय आसतलों? पिशें चली.’ अशें म्हणून लापयांवाच्या उजवाडांत दिश्टी पडिल्लो एक फ़ातोर काडून कुंडाच्या

मदेकांत शेंवटून उडयलो, 'डुबुकू' असो आवाज करून त्या फातरान हारशासारक्या नितळ उदकांत ल्हारां उबयलीं. 'उदक शांत आसल्यार पडबिंबूय दिसता. प्रलयकालांत खंयचें पडबिंब दिसतलें?' अशें ताणें म्हणलें.

सत्यान उतरां आनीक वाडयलीं ना. मद्रासाक वचूंक अप्पान न्हयकार दिवंक नाशिल्लो. फाल्यां सकाळींच वेंकटेशाक गांवांत वचून, मोटार हाडपाक सांगपाक जाय. दनपरां भायर सरल्यार सांजवेळा चार-पांच वरांचेर पावतलीं. विचारल्यार बेंगळूर मार्गावयल्यानूच मद्रासाक वचपाक जाय अशें सांगुया. फाल्यां सांजवेळा दवाखान्यांत दाखल करपाक जाय अशें सत्यान थारायलें.

अप्पा रातचो जेव नाशिल्लो. ब्रह्मर्षी एक फावट खातात अशें म्हणटालो. सत्या हांगा येतसावन बळजबरेन ताका दूद दितालें. तांबयांत आशिल्लें दूद तापोवन हाडून पिवयलें आनी आपूण भितर वचून सकाळचें उरिल्लें शीत आनी सार घेवन जेवलें. आयदनां घासून जाग्यार दवरलीं. अप्पाचो न्हिदपाचो थारावीक असो वेळ नाशिल्लो. सत्या एक मल्ल घेवन ताचेर साक घालून, परतें ताचेर पुडवें घालून दितालें. पूण अप्पा ताचेर न्हिदनाशिल्लो. आयजूय सत्यान ताका तशेंच हांतूण घाल्लें. सत्यान हवनकुंडाकडेन म्हणल्यार फाटलेवाटेन आपल्याक आनीक एक साक घालो आनी गोजडी घालून ताचेर न्हिदलें. सामकी झेम येताली.

सत्या सकाळीं उठलें तेन्ना ताका अप्पा दिसलो ना. दांत घांसून, तोंड धुवन अग्नीकुंडातलो गोबोर काडून परतीं लाकडां लावन दवरलीं. तेन्ना लेगीत ते येवंक नाशिल्ले. ह्यावेळार तांची अग्नीकार्याची सुरवात जावपाची. एकाद्रे देवळाकडेन गेले आसतले अशें सत्यान येवजिलें. पूण ताका सोदपाक नाका असो निश्चेव करून खोपीचें दार घालून भाटाचे वंयेचे दार धांपून गांवात गेलें. घराकडेन सत्या पावलें तेन्ना वेंकटेश हॉटेलाकडेन गेल्लो. वेंकटेशाक आपोवपाक फाटले वाटेन सान्न मारपी नोकराक धाडलो आनी जयम्मान दिल्ली कॉफी पिवन सत्या आपलो फुडलो प्लॅन सांगतालें. इतल्यांत वेंकटेश आयलो. कालचे रातीं मातंगीक मेळिल्ल्याचें वेंकटेशाच्या कानार घालून सत्यान आयजूच बेंगळूरांत वचपाचें थारावपाक सांगलें. वांगडा वेंकटेश आयल्यार पुरो. ताका पळोवन तिडकल्यार ताका बशीन येवंदी. वाटेर चुकून लेगीत बेंगळूर म्हणूंक जायना. नीट मद्रासाक वता म्हूण सांगपाचें. ड्रायव्हराक लेगीत हो विशय सांगून दवरूंक जाय. ह्यो सगळ्यो सुचोवण्यो वेंकटेशाकूय पटल्यो. तावरेकेरे वा तिपटूरच्यान वचून दनपारभितर एक मोटार घेवन येवपाच्या बेतान बोल्सांत पयशे घालून तो भायर सरलो.

सत्या मागीर भाटांत आयलें, न्हालें आनी रांदपाचे तयारेक लागलें. मोटार येवचे पयलीं अप्पाचें जेवण जावपाक जाय. पूण तांचो पत्तोच नाशिल्लो. तोरी दाळ दवरून तें देवळामेरेन वचून आयलें. नरसिंह पुरोयत पूजा करतालो. भोंवतणीं सगळ्याक सोदल्यार लेगीत वेंकटरमणय्याची सुलूस लागली ना. व्हाळा देगेर वचून तळेबांदावयल्यान कांय अंतराचेर तें वचून आयलें. खंयच दिश्टी पडलो ना. परतें खोंपीत येवन दाळीक मिरसांगे पिठो घालून परतें भाटांतल्यान भायर येवन पळोवन भितर गेलें.

बारा वरांच्या सुमाराक घरचो नोकर आयलो. आनी ताणें पयसुल्ल्यानूच सत्याक कुरू केली आनी आपयलें. सत्यान म्हणलें, 'अप्पा खंयतरी गेल्यात. कितें सांग' अशें म्हणटकीच ताणें सांगलें. 'कार आयल्या. हॉटेलाकडेन रावल्या. तांकां घेवन येवपाक सांगलां.' सकाळसावन ते घराकडेन नात. अशें सांगून भोंवतणीं सोदपाखातीर मनशांक धाड असो निरोप नोकराकडल्यान घराकडेन धाडलो.

लोकांनी अप्पाक सगळेकडेन सोदलो. शेत, भाट, बाग, गांवाभायर, इतलेंच न्हय जाल्यार तटाभोंवतणचे खंदकांत. गांवातल्या प्रत्येक घराची फाटली वाट, पोरसांत सोदलें. सांजवेळचीं पांच वरां जालीं तरीकूय कांयच ख़बर कळ्ळी ना. सांजवेळमेरेन वेंकटेशान गाडी थांबोवन दवरिल्ली आनी निमाणें ड्रायव्हराकडेन वाणपण करून ताका पयशे दिवन धाडलो. सत्या भाटांतूच रावन अप्पाची वाट पळयतालें. सत्या जेन्ना सातांक घराकडेन आयलें तेन्ना वेंकटेश निर्शेल्ले अवस्थेंत आशिल्लो. 'आयज-फाल्यां वाट पळोवया. तकलेचेर परिणाम जाल्ल्या मनशाक हें अशें जावपाचेंच' अशें म्हणून वेंकटेशाचें समाधान करून सत्या भाटांत वचपाक भायर सरलें.

'ते खंय गेल्यात म्हूण कोण जाणा? तूं एकलेंच कित्याक भाटांत वता?'

'खंयूय गेल्यार ते रातीं खोपीत परते येतले. हें हांव जाणा. म्हाका कसलोच भंय ना.'

'एक काम कर, नरसिंह पुरोयताक वा नोकराक वांगडा घेवन वच.'

'कोण नाका, विंगड मनशांक पळोवन ते परते तिडकतले.' अशें म्हणून जयम्मान आग्रो केल्ल्यान, थंयच इल्लेंशें जेवन सत्या भाटांत गेलें. वेंकटेश टॉर्च घेवन भाटाचे वंयेच्या दारामेरेन पावोवन गेलो.

ते रातीं सत्याक न्हीद लागली ना. वाऱ्यान माडाची चुडटां हालतालीं. त्या आवाजाचो लेगीत ताका भंय दिसपाक लागलो. पुराय भाटांतूच न्हय तर गांव आनी हरिजन वसतेच्या ह्या परिसरांत आपूण एकलेंच आशिल्ल्याची

जाणविकाय परती परती जाताली. अप्पा खंय गेल्यात म्हूण कोण जाणा! हांव हांगा एकलेंच कित्याक आयलें. गांवांतल्या घरांत रावन सकाळीं येवपाक जातालें. नाजाल्यार वांगडा नोकराक घेवन येवपाक जातालें. अप्पा खऱ्यांनीच रागार जातले आशिल्ले काय? ते रागार जाल्लेय जाल्यार तांकां समजावपाक जातालें अशें सत्याक दिसलें. भंय दिसूंक जायना म्हूण लापयांव घेवन खोंपीचे फाटले वटेन वचून तें दोन लाकडाचे कुडके घेवन आयलें आनी ते अग्नीकुंडात दवरून ल्हान कुडक्यांचे मजतीन सत्यान ते व्हडले कुडके पेटयले. हवन-कुंडांत उजो पेटलो. मनांत एकतरेची धिटाय मेळ्ळी. अप्पा म्हणटाले त्या मंत्रांची याद जावंक लागली. ते व्हडल्यान म्हणचेशे सत्याक दिसूंक लागलें. आनी जे याद जातात ते मंत्र उच्चारपाक लागलें.

'ॐ सुसमिद्धाय शोचिषे घृतं तीव्रं जुहोतन।

अग्नये जातवेदसे स्वाहा।'

मध्यान्न जातकूच मात्शी दोळ्यांचेर झेम येवंक लागली. अप्पाक सदचेवरी हांतूण घालून आपूण रान्नीकडेन साकापोतें घालून न्हिदलें.

सकाळीं जाग आयली तेन्ना कोणतरी खोंपीच्या दाराचेर मारून, 'सत्याबाय, सत्याबाय' म्हूण उलो मारतालो. दाराक भितरल्यान खिळी नाशिल्ली. आनी सत्यानूय आडसराक कायंच लायलें नाशिल्लें. ताणें उठून दार उक्तें केलें. सूर्य बरोच वयर आयिल्लो. दार बडयतालो तो गांवांतलोच. पूण सत्याक ताची वळख नाशिल्ली. ताणें सांगलें : 'तुमगेलो भाव तळेबांदार उबो आसा. तुमकां आपयतात ते.'

'कित्याक? कितें जालें?' ताका इतलो भियेल्लो पळोवन सत्यान भीत भीत विचारलें.

'तुमगेले अप्पा गेले. गळ्यांत जानव्याची व्हडली लडी आशिल्ली न्हय ताकाच फातोर बांदून तळ्यांत उडकी मारली. आयज सकाळीं उदक बरें नाशिल्लें. खदोळ जाल्लें. मगदकेरीचो चेन्नण्णा उदक हाडपाक थंय गेल्लो तेन्ना ताणें तांकां पळयले. ताणेच गांवांत येवन सांगलें.'

आयकून सत्याची तकली घुंविल्लेवरी जावंक लागली. तें दाराकडेन तेंकून बसलें. तशेंच जमनीर पडलें. सत्या बेसुद्द जाल्ल्याचें ताच्या लक्षांत आयलें आनी ताणें भितरलें तांबयातलें उदक हाडून ताच्या माथ्यार थापलें. हवनकुंडाच्या म्हऱ्यांत दवरिल्ल्या खावचे पानान ताणें सत्याक वारें घालें. दोन मिणटांत सत्या शाबुद्दीर आयलें. आनी ताणें दोळे उक्ते केले. 'आनीक मात्सो

वेळ न्हिदून राव.' अशें सांगल्यार लेगीत आयकनासतना उठून बसलें. आनी एका मिनटान उठून थंय गेलें. तोय ताचे वांगडा गेलो.

झरझरीत पावलां घालीत, उपरांत धांवन तें तळेबांदावयल्यान वयर सरून उदकाम्हऱ्यांत आयलें. तितले म्हणसर चाळीस-पन्नास लोक भोंवतणी एकठांय जाल्ले. बांदाच्या फातरांसावन सुमार स हात अंतराचेर दादल्याचे उंचायेचे देडयेन खोलायेच्या उदकाचेर मडें ताठ जावन उफेतालें. रगड्या फातरायेदो आकाराचो एक फातोर जानव्याच्या आदारान पोटाक आंवळून बांदिल्लो. खाड आनी माथ्यावयले केंस कोणेतरी वळयिल्लेवरी दिसताले. पोंवटो, पांयाचे तळवे, फाट, तोंड हांचे लोबदे काडिल्ले. बोटायेद्या लांबायेच्या नुस्त्यांनी गर्दी केल्ली.

'दोन कोंडे हाडून मडें वयर काडात.' एकल्यान म्हणलें.

'पुलिसांक कळीत केलां, रावात' कोणे रोखडीच ताका जाप दिली.



# धा

## 1

पुलिसांनी येवन मडें वयर काडलें. पंचनामो करून मडें शव-चिकित्सेखातीर धाडलें. तिरुमलापूरांतल्या सरकारी दवाखान्यांतल्या दोतोरांनी मडें कापून परिक्षण करून रिपोर्ट बरोवन दिवंक जाय म्हूण मडें तेवटेन व्हेलें. बांदाकडेन जमिल्ल्या लोकांमदीं एकल्यान म्हणलें, 'बेट्टय्याच्या चल्याक लागून वेंकटरमणय्यान जीव दिलो.' ह्या गूढ प्रकरणाक वाचा फुटली. आनी एकल्यान, 'बेट्टय्याच्या चल्यानूच पोटाक फातोर बांदून तळ्यांत उडयलो दिसता.' अशें म्हणलें. सगळ्यांच्या मनांत रहस्यूच भरिल्लें हें स्पश्टपणान दिसून येतालें. वीस हात अंतराचेर मडें घेवन बैलगाडी वताली. तिचे फाटोफाट वेंकटेश, सत्या चलतालीं. फाटल्या जमावांतलो एकलो धांवन आयलो आनी वेंकटेशाक फाटल्यान घेवन गेलो. वेंकटेशाचे दोळे दुकांनी भरिल्ले. बेट्टय्याचो चलो पयर देवळाकडेन येवन आपल्या बापायक हिणसावन ताचेकडेन झगडें केल्ल्याची खबर ताका आदल्या दिसा सांजवेळा कळिल्ली. ताणेच आपल्या बापायक पोटाक फातोर बांदून बुडयला आसतलो हाचेर ताचो सामको विस्वास बसलो.

एकल्यान म्हणलें, 'चेडयेच्याक फांशी दिवपाक जाय.'

'पयर जाल्ले घडणुकेचे आमी साक्षीदार आसात.' आनीक दोगा जाणांनी मुखार येवन म्हणलें.

'वयले जातींतल्या लोकांच्यो मिश्यो आपल्या मुतांत बुडयतलों अशें हो मांग समाजांतलो चलो म्हणटालो. ताच्योच मिश्यो धरून हुमटून उडोवपाक जाय. जल्ल्याक करतात तशें' आनीक एकल्यान म्हणलें.

इतल्या लोकांचो तेंको आसा म्हणटकूच वेंकटेशानूय ताका धडो शिकोवपाचो निश्चेव केलो.

गाडयेच्या फाटोफाट वचपी सत्या तटाकडेन गाडी पावतकूच गांवाकडेन वळ्ळें. मड्यावांगडा वेंकटेश आनी लोकांचो जमाव गेलो. गाडी हॉस्पिटलाकडेन पावतासर लोकांचो आंकडो सुमार दोनशांवयर गेलो. धा

मिणटांनीं गांवांतले व्हडले पटेल तिरुमलेगौडा हातांत बेताची बडी घेवन आयलो. जमिल्ल्या जमावान ताका वाट करून दिली. 'अशें कशें जालें?' पटेलान विचारलें.

'बेट्टय्याच्या चल्यान तांच्या पोटाक फातोर बांदून तळ्यांत बुडयलो.' एकल्यान जाप दिली.

'तो चांडाळ! आरे कोणूय वचून ताचे गोमटेक धरून भरभरीत ओडून हाडात. ताची तकलीच चांचावपाक जाय.' गांवचो धनी तापलो.

वीस-तीस जाण म्हारावाड्याचे दिकेन धांवले. पूण इतलो वेळ थंड आशिल्ल्या सब्-इन्स्पेक्टरान तांकां आडायले आनी म्हणलें, 'ताचेर कसलोय दुबाव आसल्यार बरोवन दियात. आमी ताचेर केस घालतात. तुमी कोर्टांत येवन साक्ष दियात. कोर्टात जें जातलें तें जावंदी.'

'आमच्या गांवांत न्याय करपी हो खंयचो आयला पोको आदोगाद' अशें व्हडल्या पटेलान विचारलें.

आपल्या हुद्याचो अपमान करून उलयतल्या जाणटेल्याचो सब-इन्स्पेक्टराक राग आयलो. पूण तो ओग्गी रावलो. कारण तो फकत गांवचो पटेलूच न्हय जाल्यार मंत्र्याचो बापूय हें ताका लेगीत खबर आशिल्लें. ह्या सगळ्यांनी बोवाळ केलो आनी आपल्या वरिश्ठ अधिकाऱ्यांनी आपले विरुद्ध पवित्रो घेतलो जाल्यार मंत्र्याचो बापूय आपली राखण करपाखातीर येवचोना हेंय ताका कळिल्लें. तेखातीर सब-इन्स्पेक्टरान म्हणलें, 'तुमगेल्या इत्सेप्रमाण जावंदी. पूण गांवातल्या लोकांक धाडूंनाकात. म्हज्या शिपायांक धाडटां.' अशें म्हणून म्हऱ्यांत आशिल्ल्या चार कॉन्स्टेबलांक आदेश दिलो. 'वचात, बेट्टय्याचो चलो मोहनदासाक धरून अरेस्ट करून घेवन येयात. रन् अप' अशें म्हणलें. फाटोफाट आपूण कॉन्स्टेबलांक धाडटां तेंवूय एका एम.एल.ए. च्या घराकडेन हाची ताका याद जाली आनी तो काचाबूल जालो. पूण ते काय तितले बळिश्ट आमदार न्हय हाचीय ताका याद जाली. आपल्याचेर कागाळ केल्यार ह्याच पटेलाची मजत घेवपाक जाता आनी मंत्र्याचे मजतीन जाग्यार घालूंक जाता. चडूच जाल्यार बदली जातली इतलेंच. अशें म्हणून ताणें आपलें समाधान करून घेतलें.

मात्शा वेळान मड्या-चिकित्सेचें काम जालें. मरून तीस वरां वयर जाल्ल्यान विखाची बी चांचणी करपाक मेळ्ळीना. नुस्त्यांनी खाल्लीं फेरिदां सोडलीं जाल्यार हेर खंयच्याच जाग्यार जखम जाल्ली दिश्टी पडनाशिल्ली. पोटाक बांदिल्ल्या फातराबराबर उदकांत बुडिल्ल्यान मरण आयलां. हाका

खूब कारणां आसात. अशा निर्णयाचेर दोतोर आयले. म्हणल्यार निकाल हेवटेनूय ना आनी तेवटेनूय ना. मोहनदासानूच पोटाक फातोर बांदून बुडयला काय ना हें कोर्टान थारावपाक जाय. ते खातीर ताका साक्षीदारांची गरज आसा अशी फोडणीशी करून कुप्पण्णय्यंगारांनी व्हडल्या गौडाक सांगलें. तें आयकून 'रिपोर्ट मात्सो सारको बरोवपाक सांग त्या दोतोराक' असो व्हडल्या पटेलान हुकूम सोडलो.

वेंकटेशाच्या घरांत रावपी नरसिंह पुरोयत आनी हेर चार स्मार्त ब्राह्मण शव-संस्काराखातीर उबे रावले. वेंकटेश दुख्खान सामको बुडिल्लो. तो दोन फावटी भळभळीत रडलो तेन्ना म्हऱ्यांत आशिल्ल्या कुप्पण्णय्यंगारांनी आनी व्हडल्या पटेलान ताचें सांत्वन केलें. मात्शा वेळान मडें मसुंडेंत व्हरपाक लागले. तांचे फाटोफाट वेंकटेशूय मसुंडेंत गेलो. तागेल्या भाटाकडेनूच पिंपळाच्या झाडापोंदा ब्राह्मणांक अग्नी दिवपाचो जागो आशिल्लो.

हेर लोकांचो जमाव मात हॉस्पिटलाकडल्यान हाल्लो ना. ब्रह्महत्या केल्ल्या चांडाळाक कसली ख्यास्त भोगची पडटा तें व्हडले गौडा वर्णन करून सांगतालो. आतां म्हारां-मांगाचें राज्य येता. हांकां अशेच सोडले जाल्यार धर्म उरचोना अशी शिटकावणी ताणें लोकांक दिली. कुप्पण्णय्यंगारासावन मुमताज सायबामेरेन सगळ्यांनी आयजकाल चलता ते पाखंडी करणेचो धिक्कार केलो.

पंदरा मिणटांनी पुलिस परतले. तांचेबराबर बेट्टय्या लेगीत आशिल्लो. मोहनदास काल सकाळींच तुमकूरांत गेल्लो खंय. आपल्या चल्याचेर हो आळ घाला हें ताणें भगवान श्री रामचंद्र आनी भारतमातेचो सोपूत घेवन सांगलें. ताचेमुखार वाद घालूंक हेरांक भंय दिसूंक लागलो. पूण व्हडल्या पटेलांक कसलोच भंय नाशिल्लो.

'पयर रातीं तो गांवांत आशिल्लो काय ना?'

'आशिल्लो. हांव फट सांगना.'

'पयर सांजवेळां ताणें देवळाकडेन वेंकटरमणय्याचो अपमान केल्लो तें खरें काय फट?'

'तशें जालें म्हूण कोणे तरी म्हाका सांगलें. हांवें तें पळयलेंना.'

'खेळ पुरो जालो. इन्स्पेक्टर, घेयात बरोवन ही केस.' अशें म्हणून ऑर्द दिली. सब-इन्स्पेक्टर सगळ्यांक पुलीस स्टेशनाचेर घेवन गेलो. तांची सगळ्यांची जबानी बरोवन घेतली. पयर रातीं आपलो चलो घरांतूच न्हिदिल्लो ही बेट्टय्याची जबानीय ताणें बरोवन घेतली. केस रजिस्टर जाली.

## 2

आशी कुशींतल्या घरांतल्यो बायलो घराकडेन येवन आपले उमाळे व्यक्त करताल्यो. जयम्मालेगीत रडटाली. सत्याक त्या दिसा उत्सुकतायेन पळोवपाक आयिल्ले सगळे जाण पयलींचें सगळें विसरून सत्याचें सांत्वन करताले. अप्पाचे आत्महत्त्येफाटलें कारण सोदपाची इत्सा आसून लेगीत आंगांत शक्त नाशिल्लेभशेन सत्या मोन्यावरी बसून राविल्लें. भाटांत अप्पा कितें करतालो. हाचो अर्थ कितें आसतलो, हाची बायलो मदींमदींच चवकशो करताल्यो. पूण सत्याक कांयच उलोवपाची इत्सा नाशिल्ली. निमाणें तशेंच हाताचे कुरवेन सांगून सत्या फाटलेवटेन आशिल्ल्या गोठ्यांत वचून बसलें.

मडें घेवन गेल्ल्याची खबर कळटकूच सुमार वरांनी 'बेट्टय्या आयल्यात, तुमकां आपयतात.' अशें कुप्पण्णय्यंगाराचे बायलेन कुडींत येवन सांगलें. सत्या उठून मदले कुडींत आयलें. हुमऱ्याकडेन रावन बेट्टय्यान हात जोडून म्हणलें, 'बाय, तुमी खरें सांगपाक जाय. सत उलोवपाक जाय.' ताच्या मुखामळाचेर उध्वस्त भाव दिश्टी पडटाले. सट्करून कितें उलोवपाचें हें सत्याकूय कळना जालें.

'तुमगेल्या अप्पाक म्हज्या चल्यान उदकांत बुडोवन मारला म्हूण पुलिशेंत केस केल्या.' सत्याक हातूंतलें कांयच कळ्ळें ना.

'आनी धा-बारा जाणांनी तशी साक्ष दिवन सयो केल्यात. व्हडले गौडा मोहनदासाक फांसार चडयतले म्हणटात. म्हज्या चल्यान हें कुकर्म करूंक ना. रामदेवाचो सोपूत आसा तुमकां. तुमी खरें तें सांगपाक जाय.' अशे बेट्टय्यान म्हणलें.

सत्याची तकली सुन्न जाल्ली. 'बाय, हांवें तुमचें कितें वायट केलां म्हूण तुमी म्हजी वाट लावपाक सोदतात?' अशें म्हूण बेट्टय्यान दोळे पुसले.

आता बेट्टय्यांचो उलोवण्याचो अर्थ सत्याच्या लक्षांत आयलो. 'हांवें आता कितें करपाचें?' अशें सत्यान विचारलें.

'सब इन्स्पेक्टराक येवन सांगात.'

सत्या उबें आशिल्लें तशेंच बेट्टय्यावांगडा गेलें. बायलांक उलोवपाक आनीक एक विशय मेळ्ळो. बेट्टय्या सत्यापरस चार हात पयसुल्ल्यानूच चलत गेलो. सब-इन्स्पेक्टराच्या ऑफिसांत आतां कोणूच मनशां नाशिल्लीं. सत्यान वचून सगळ्यांच्या जबानीचो विशय विचारलो. आतां तागेली तकली थाऱ्यार आयिल्ली. पयर मोहनदास आपल्या पिशें लागिल्ल्या अप्पाकडेन हिसपाभायर

तिडकल्लो ही काय व्हडपणाची वर्तणूक नाशिल्ली. हांव दादलो आशिल्लो जाल्यार जोत्या व्हाणांनी बडयतलें आशिल्लें. पूण मोहनदासानूच अप्पाक धरून उदकांत बुडयलो हाचेर सत्याचो विस्वास बसलो ना. अप्पाचो आनी आपलेपरस वयले जातीचो अपमान करप हो मोहनदासाचो मुखेल हेत आशिल्लो. वयले जातींतले दादले तांगेल्या जातींतल्या कांय बायलांकडेन संबंद दवरून आशिल्ले हें फट न्हय. हेविशींचो आपलो सगळो राग ताणें अप्पाचेर काडपाचो येत्न केलो. पूण पिशें लागिल्ल्याक धरून पोटाक फातोर बांदून उदकांत बुडयलो हाचेर विस्वास दवरप शक्यूच ना. ते रातीं अप्पा म्हासागर, जलप्रलय, पिंपळाचें पान, धर्मसृश्ट, नवे संस्कार ह्या गजालींविशीं उलयताले हाची सत्याक याद जाली. तेच स्वता जावन उदकाविशीं उलयताले. उदकांत बुडून जिवित सोंपोवपाचो विचार आशिल्ल्यानूच ते तशे उलयताले दिसता. ताचे उपरांत हांवें तांकां पळयलेच ना.

सब-इन्स्पेक्टराकडल्यान एक कागद आनी पेन मागून घेवन ताचेर आपल्याक जें दिसता तें बरोवन सत्यान ताचेर सय मारली. तें तिरुमलापूर, ल्हान गांव, हें विसरून बेट्टय्या सत्याच्या म्हऱ्यांत आयले आनी तागेल्या पायांक स्पर्श करून म्हणपाक लागले, 'बाय, तूं खरेंच बापायचें चली. खरें सत्यवती.'

इन्स्पेक्टरान म्हणलें, 'केस केली जाल्यार लेगीत तुमगेल्याच चल्यान खून केला हें सिद्ध करप सामकें कठीण काम आशिल्लें. आता तांगेलेच चलयेन जबानी दिल्ल्यान केस उबी रावप शक्यूच ना. तरीलेगीत तुमी ऑफिसांत येवन ही केस मुळासकट हुमटून काडल्यार बरी जाता आशिल्ली.'

'हांवें कितें करपाचें? तुमीच सांगात?' अशें बेट्टय्यान म्हणलें.

'एम्.एल्.ए. जाल्यात. तुमकां कांयच खबर ना?' अशें इन्स्पेक्टरान म्हणलें.

बेट्टय्या आजून कांयच समजुपाचे मनस्थितींत नाशिल्ले.

सत्या घराकडेन आयलें. जयम्मालेगीत सुतकांत आशिल्ल्यान रांदचे कुडींत वचपाक जायना आशिल्लें. कुप्पण्णय्यंगाराचे बायलेन कॉफी हाडून तांगेल्या तांबयात ओतयली. सत्याक कॉफी नाका आशिल्ली. आपल्याच विचारांत सत्या वचून गोठ्यांत बसलें. जयम्माच एका आयदनांत कॉफी घालून ताचे म्हऱ्यांत आयली. सत्याचे फाटीवयल्यान हात ओडून कॉफी थंय दवरली आनी ताचें समाधान केलें. पूण सत्याचें मन आतां अप्पाच्या मरणाच्या दुख्खांतल्यान भायर सरून गांवातल्या गांवकऱ्यांचे बुद्दीकडेन गेल्लें. पयर

मोहनदास जसो वागलो ताची जाप म्हूण ताका बुद्द शिकोवपाक जाय आशिल्ली. नाशिल्ली ती केस मोहनदासाचेर घालपाक पटेलांचें तरी इतलें कसलें दुस्मानपण? व्हडले पटेल कित्याक हातूंत फुडारपण गाजयतात? हाची सारकी जाप सत्याक मेळ्ळी ना. पुलीस स्टेशनाचेर कितें घडलें हाची चवकशी करतल्या जयम्माकडेन लक्ष दिनासतना सत्या आपल्याच विचारांत आशिल्लें. कॉलेजींत प्रवेश मेळोवचे पयलीं सत्याक गांवांतल्यो भानगडी तितल्यो सारक्यो कळनाशिल्ल्यो. कॉलेजींत वचून अक्कल आयली तेन्ना शिक्षणाच्या निमतान भायर आशिल्ल्यान गांवचो संपर्कूच तुटलो. सुटयेंत आयलें तेन्ना रांदप करतालें. कितेंय वाचपाक घेतालें. नाजाल्यार अप्पान सांगिल्लीं शास्त्रां सगळीं चुकीचीं म्हूण सिद्ध करून दाखोवपाखातीर अप्पाकडेन वाद घालतालें. तेखातीर गांवातल्या प्रत्येकाची फाटभूंय सत्याक सारकी खबर नाशिल्ली.

दनपरां एक वरांचेर कुप्पण्णय्यंगाराचे बायलेन रांदप केल्लें सत्यामुखार हाडून दवरलें. अर्दवरान वेंकटेश घराकडेन आयलो. येनाफुडें ताणें सत्या खंय म्हूण बायलेक विचारलें आनी गोठ्यांत येवन ताका विचारलें 'तूं कित्याक पुलीस स्टेशनार गेल्लें?'

'बेट्टय्यान आपयिल्लें.'

'तो रांडेपूत आपोवपाक आयलो गरज पडली म्हूण. तूं कित्याक गेलें?' तो रागान उलयतालो. सत्यान मान वयर करून ताचो चेहरो पळयलो ना. आपलेच तंद्रेत तें बसून रावलें. तागेल्या मौनाक लागून वेंकटेश निर्शेलो. ताका रागूय आयलो. पूण मुखार कितें करपाचें हेंय ताका सुचना जालें. एक मिनीट ओग्गी रावन वेंकटेशान म्हणलें, 'त्या रांडेपुताक कितलो अहंकार आसा तुका खबर आसा? गांवांतले हेर सगळे दादले म्हणल्यार कपलाक कुकूम लावपी बायलो आनी आपूण एकलोच खरो दादलो म्हूण येद्यो व्हडल्यो सत्रेवरी मिश्यो वाडोवन मिरयता. हांगेल्या हॉटेलांत हांवें कित्याक येंवचें न्हय म्हूण बसस्टँडार उबो रावन वाद घालता. तेन्ना एक दीस झगडें करपाच्या निमतान हॉटेलांत आयिल्लो तेन्ना ताका सारकी जाप मेळ्ळी.'

तरीकूय सत्या ओग्गी रावलें. 'आत्तां सब-इन्स्पेक्टराच्या ऑफिसांत यो. ताणें तुगेली जबानी रजिस्टरांत बरयिल्ली ना. पेपर परतो मागून घे. हांव सांगतां तशें दुसरें बरोवन दी.'

तें ओग्गी आशिल्लें.

'तुवें कितें भेड्डेपणाचें सवंग घेतलां?' वेंकटेशान विचारलें.

'हांवें कांयच फट बरोवन दिवंक ना.' अशें सत्यान म्हणलें.

'ताणें आमगेल्या अप्पाचो जीव घेतला हें सामकें फट?' वेंकटेशान म्हणलें.

'एके नदरेन पळोवंक गेल्यार मोहनदासाक लागुनूच अप्पान जीव दिवपाचो विचार केलो.' सत्यान शांततायेन म्हणलें, 'पूण मोहनदासानूच जीव घेतला हें म्हणप बराबर न्हय. सामकें फट. दोनूय गजालीं भितर फरक आसा.'

'ताणें केल्ले चुकीची ताका ख्यास्त जावपाक नाका?' वेंकटेशान म्हणलें.

'ख्यास्त जावंक जाय. धा जाण एकठांय जावन पंचायत आपयात. पिशें लागिल्ल्याकडेन अशें वागप योग्य काय अयोग्य तें विचारात. दंड घालात. पूण ताणेंच खून केला म्हूण फटीची केस घालप हो कसलो न्याय?'

'सत्या, तुजो मार्ग आपणायलो जाल्यार ह्या नालायकाक धडो शिकोवपाक मेळचोच ना.'

'वेंकटेश, चुकीच्या मार्गान ख्यास्त करपाक गेल्यार ताचो कांयच उपेग जावचो ना. वयल्यान दुस्मानपण वाडटलें. आनीकूय त्रास जातले.'

मुखार कितें उलोवपाचें वेंकटेशाक कळना जालें. गोठ्याच्या फाटल्या दारांतल्यान वचून तणाचेर थुंकून आयलो.

भाव-भयणीच्या ह्या वाद-विवादांत जयम्मान मदीं तोंड घालें ना. तसो तिचो सभावूय नाशिल्लो. मदींच तोंड घालपाचो. मनांत कितलोय राग आसलो तरी तो मनांत दवरून हेर वेव्हार वेवस्थीत जाग्यार घालप हें वेंकटेशाच्या सभावाचें विशेश लक्षण. ताणें भयणीकडेन उलोवपाचें सोडलें ना. वयल्यान ताणेंच सत्याक इल्लेशें जेवन घेवपाचो आग्रो केलो. सांजवेळां कितले तरी लोक तांच्या घरामुखार जमिल्ले. वेंकटेशाचें सांत्वन करतना बेट्टय्याच्या चल्याक बरोच धडो शिकोवपाविशीं वेंकटेशाक सल्लो दिताले. सत्या भितर पेटये म्हऱ्यांत शेंदरेचेर आडवें पडिल्लें.

ते रातीं सत्याक न्हीद लागली ना. एकाद्र्या अनवळखी जाग्यार आनी परकी गांवात न्हिदिल्लेवरी ताका दिसतालें. हो गांव, ही वसती, हीं घरां, कित्याचोच आपल्या जिवितांत संबंद ना असो भाव मनांत भरून आयिल्लो. म्हणल्यार हाचे उपरांत हांवें ह्या गांवांत येवचें काय न्हय? असो प्रस्न उप्रासलो. नाय जाल्यार खंयचें चली आपल्या जल्मल्ल्या गांवांत रावता. चार दिसांखातीर येवन वचपाचें इतलेंच. पूण ह्यो लग्ना उपरांतच्यो गजाली. म्हाका लग्न जावचे पयलींच अशें दिसता. अप्पा अंतरले त्याच दिसा अशें कित्याक दिसलें? वेंकटेश इतलो खंय वायट आसा? जयम्माक तर बरी भावजूच म्हणपाक जाय. तरीलेगीत म्हाका हांगाच्यान वचनशें दिसता. पूण खंय वचूं? बेंगळूरांत?

बेंगळूरांत वचपासारकें कायंच ना. अकस्मात सत्याच्या मनांत विचार आयलो. आनी ताका दिसलें आपणें भाटांतले खोपीत वचून रावपाचें. अप्पा आपल्या पिशेंपणात जाका आश्रम म्हूण समजतालो तोच जागो म्हाका आकर्शीत करता. भितर पेटत रावपी हवनकुंड, तीन फातरांची रांदन, शेजरा आशिल्लें कुंड, ताची धड, तोच आपलो आवडटो जागो म्हूण मनांत भावना जागृत जाली. कितलें विचित्र आसा हें! कितलोय विचार केल्यार लेगीत त्या जाग्याची ओड कमी जायनाशिल्ली. एकले बायलमनशेन ह्या निर्जन जाग्यार कशें रावपाचें? रात कशी काडपाची? भंय दिसचो ना? अशे कितले तरी प्रस्न मनांत उप्रासले तरी ताची योग्य जाप मेळनाशिल्ली. थंयच रावपाची इत्सा मात प्रबळ जाताली.

रातभर सत्याक न्हीद लागली ना. त्रेच कुडींत न्हिदिल्ल्या वेंकटेशाक सकाळीं जाग येतकूच्च रोखडेंच सत्यान सांगलें, 'म्हाका कितें म्हूण कोण जाणा भाटांत रावनशें दिसता. हांव थंयच रावतां.'

हें आयकून वेंकटेश चकीत जालो. 'बेट्टय्याच्या चल्याचो विशय हांवें विचारलो म्हूण राग आयलो काय कितें?' अशें वेंकटेशान म्हणलें.

'राग न्हय. तें हांव केन्ना विसरून गेलें. भाटांतच रावंक जाय म्हूण मन परतें परतें सांगता. थंय रावनासतना दुसरेकडेन खंयूय रावल्यार म्हाका पिशें लागतलेशें दिसता.'

'तावीज बांदतां विराचारीक हांगा आपोवन. नाजाल्यार बाबय्याच्या सणाक साकर वाट्टां म्हूण सांगणी करपाक लायता मुमताजसाबाक -'

'हें काय पिशें न्हय. भुताटकीय न्हय. म्हजें अशें म्हाका रावपाक दी. तूं कांयच येवजिनाका. इल्लेशे तांदूळ, दाळ थंय धाडून दी.' अशें सांगून, ताका आनीक उलोवपाची संद दिनासतना सत्या घरांतल्यान भायर सरलें.

भाटांत खोंपीचें दार बंद आशिल्लें. भितर वचून आपली साडी घागरो, पोल्क घेवन कुंडात न्हावन घेतलें. न्हावचे पयलीं पोल्क काडिल्लें तेन्ना गळ्यांत आशिल्ल्या यज्ञोपविताचेर तागेलें लक्ष गेलें. हांगा आयिल्ल्या दिसा अप्पान घाल्लें. तें काडिनासतना दादल्याभाशेन तें तळव्याचेर चोळून परतें गळ्यांत घालें. धुल्ली साडी न्हेसून आंगावयले कपडे कुचकुचावन पिळून ते सुकोवपाक घाले. खोंपीतल्या हवनकुंडात, अप्पान वचचे पयलीं केल्ल्या अग्निकार्याच्या गोबराची रास सांठिल्ली. तो गोबोर काडून निवळ केलो. ताचे उपरांत अप्पा न्हिदतालो त्या मल्लाचेर तें न्हिदलें. गाड न्हीद लागली.

दनपरां जयम्मान येवन ताका भुजां हालोवन उठयलें. खोंपीच्या दाराकडेन एका आयदनांत रांदिल्लें जेवण घेवन नरसिंह पुरोयत उबो राविल्लो. 'उठ जेवन

घे. मोन्यांनी घराकडेन यो. हांगा एकलें रावप म्हणल्यार भुरग्यांचो खेळ न्ही.'

'तूं गुरवार. तूं हांगा कित्याक आयली? हांगा येवपाची न्ही.' सत्यान म्हणलें.

'तूं हांगा एकलेंच न्हिदलां. मागीर हांवें नरसिंह पुरोयतावांगडा आयल्यार कितें जाता?'

'म्हजी मनस्थीत तुका खबर ना. म्हाका कांयच समजनाशें जालां. तुगेलें मन आनी सभाव वेगळोच. गुरवारपण वेवस्थीत जावन बरें गुटगुटीत भुरगें जावपाक जाय. बाळंत जायसर तूं हांगा येवंनाका.' अशें सत्यान जयम्माक सांगलें.

'तूं हांगा कित्याक रावता?'

'तेंच म्हाका खबर ना म्हूण हांवें सांगिल्लें न्हय तुका. आतां जेवण हाडलां तें आसूं. आयज हांव जेवतां. पूण फाल्यांसावन रांदिल्लें जेवण हाडूंनाका. हांगाच रांदून जेवनशें दिसता.'

तेच राती आठ वरांचेर. एक कांबळ, शेंदरी आनी उशें घालून कवळो करून खांद्यार दवरून नरसिंह पुरोयत भाटांत आयलो. 'म्हाका हांगाच न्हीद म्हूण वेंकटेशामूर्तीन धाडला.' अशें सांगलें.

'हांवें नाका म्हूण सांगला अशें सांग. तुमी वचात.' अशें म्हूण सत्यान ताका परतो धाडलो.

तो वतकूच सत्याक भंय कसो दिसपाक लागलो. हांव हांगा कित्याक आयलें? असो प्रस्न ताच्या मनांत उप्रासलो. आतांच घराकडेन परतें वचून न्हिदूं? - अशें सत्याक दिसपाक लागलें. पूण त्या जाग्याचें आकर्शण ताका खूब जाल्लें. भिरांत ना करपाक एकूच उपाय म्हूण ताणें लापयांव पालयलो. खोंपीचें दार बंद करून भाटांत दोन भोंवताडे काडले. काळखांत अस्पश्ट दिसपी सावटाक सोदीत वट्ट कितले माड आसात ते मेजले. भंय कमी जावपाक लागलो. खोंपीत येवन दार बंद करून न्हिदलें. मात्शा वेळान न्हीद लागली.

## 3

सत्या भाटांत येवन रावतकीच तिसऱ्या दिसा सकाळीं बेट्टय्या थंय आयलो. खोंपी मुखार एके मेरेचेर बसलो. 'बेंगळूरांत गेल्लों. केस जावची ना असो बंदोबस्त करतलों अशें मेलगिरीगौडान सांगलां.'

बेंगळूरचो विशय काडटकूच सत्याक आपूण नोकरी करतालें त्या दुकानाची याद जाली. आपल्याक येवन आठ दिसां वयर जाले. तांकां एक पत्र लेगीत बरयलें ना. केन्ना येतलें हेंवूय कळयलें ना. सत्या ह्याच विचारांत आसतना बेट्टय्या मुखार म्हणूंक लागलो, 'अकस्मात केस घाल्यार कितें जातलें हें विचारपाखातीर हांव वकिलाकडेन गेल्लों. तावरेकेरेंतल्या कृष्णप्पा वकिलाकडेन. तुमगेले अप्पा अंतरले हें आयकून तांकांय खूब वायट दिसलें. ते सांगताले, तुमगेल्या अप्पाजीन वचून तांचेकडेन व्हील बरोवन रजिस्टर केलां खंय. देवाची जमीन सगळी चल्याक. तिवूय ताणें पूजा केली जाल्यारूच. स्वताच्या नांवार आशिल्ले इस्टेटींतलें अर्द चलयेक. अर्द चल्याक. घर चल्याक. अप्पाच्या नांवार जे पयशे बँकेत आसात तातूंतले तुमकां घर बांदपाखातीर धा हजार दवरपाचे. आनी मागीर उरिल्ल्या पयशांतले परते अर्दे अर्दे वांटे करपाचे. तांचेकडेनूच रजिस्टर्ड कागदपत्र आसा.'

अप्पा बेंगळूरांत आयिल्ले तेन्ना, 'म्हाका तावरेकेरेंत मात्शें काम आसा. थंय वचपाचे बशीर म्हाका बसय.' अशें सांगून अप्पा थंय गेल्ले. ह्याच कामाखातीर ते तावरेकेरेंत गेल्ले? म्हाका ताची सुलूस लेगीत लागूंक दिलीना. बापायचे इस्टेटींतलो अर्दो वांटो चलयांकूय येणें हेंय सत्याक खबर आशिल्लें. पूण खंयचीय चली तो हक्क मागनाशिल्ली. लग्नाचो खर्च, बाळंटेर, कुळारा घेवन वचप, घरा पावोवप हातूंत कुळारच्या लोकांक खूब खर्च जातालो. तातूंत वांटो आनी मागल्यार कोण दितलो? कायदो आसल्यार लेगीत हक्कान मागलेबगर कोणूच दिवचो ना. म्हूणच अप्पान आपलें मृत्यू-पत्र रजिस्टर केलां आसतलें. अप्पाच्या मनांत कितें आशिल्लें? हांव केन्नाच लग्न जावचें ना, वेंकटेश आपूण जावन कांयच दिवचो ना. आपले चलयेन कपड्याच्या दुकानांत काम करून पोट भरचें न्हय अशें ताका दिसलें आसतलें. पूण अप्पान हें म्हाका कित्याक सांगलें ना?

हे विशीं बेट्टय्यान आनीक कांयच सांगलें ना. 'तुमी बेंगळूरात परतीं केन्ना वतात?' इतलेंच विचारलें.

'कोण जाणा! म्हाकाय सारकें खबर ना. अप्पांचे दीस जातकूच वतलें. हांगा बसून कितें करतलें?'

मात्सो वेळ बसून, अप्पांच्या बऱ्या गुणांची याद काडून, मात्सो वेळ उलोवन बेट्टय्या वचपाक भायर सरलो. तेन्ना सत्यान कितें तरी येवजून सांगलें. 'पळयात, हांव हांगा आयिल्लें तेन्ना वणटीचेर एका खिळ्याक एक पोती लायिल्ली. तातूंत अप्पान दोन हजार रुपये दवरिल्ले. हे पयशे हांगा कित्याक

दवरल्यात, अशें विचारलें तेन्ना तांकां ते मातंगीक दिवपाचे आशिल्ले अशें तांच्या उलोवण्यावयल्यान दिसतालें. तिका मात्शी आपयशात? तिगेले तिका दिवया.'

बेट्टय्या स वर्सां गांधी आश्रमांत रावन आयिल्लो. कितलेतरी त्याग केल्ले ताणें पळयिल्ले. पूण हें चली इतलें प्रामाणिकपण दाखयता तें पळोवन बेट्टय्यांक अजाप दिसलें. चार दिसां पयलीं गांवातले सगळे लोक तागेल्या चल्याचो सूड घेवपाखातीर धडपडटाले तेन्ना सत्या जशें वागलें तेखातीर बेट्टय्याक सत्याविशीं आदर दिसपाक लागलो. आतां हें तागेलें प्रामाणिकपण पळोवन ताचेविशींचो आदर दुपेटीन जालो. बेट्टय्यान परतें विचारलें. 'तिका दिवपाचेच अशें म्हणटात?'

'अप्पांचो उद्देश म्हाका सारको समजलो. नायजाल्यार तिका इतलें तरी मेळपाक जाय. अप्पान तिचेकडेन नाजाल्यार आनीक कोणाकडेनूय लग्न केल्लें जाल्यार आनी तिका भुरगीं जाल्लीं जाल्यार तांकां इस्टेटींतलो वांटो दितलेच आशिल्ले न्हय? म्हाका दोन हजार सामके कमी पयशे दिसतात. पूण जाती-समाजाची परिस्थिती वेगळीच आसा. त्या भुरग्याक सरकाराकडल्यान अन्न, कपडे पुस्तकां सगळें मेळटा. मातंगीकूय जमीन आनी घर मेळ्ळां. कश्ट केल्यारूच पोट भरतलें अशीय मातंगीची परिस्थिती ना. हे इतले पयशे तिका दिवपाकूच जाय.'

बेट्टय्या कांयच उलयले ना. मोन्यांनी सत्याचें तोंड पळयत बसले. धा मिणटांनी, 'तिका घेवन येतां' अशें सांगून बेट्टय्या थंयच्यान गेले. सत्यान कुंडात न्हावन कपडे धुवन सुकत घाले आनी रांदपाक गेलें. आनीक कितले दीस तरी हांगा रावपाचें? बेंगळूरांत वचचें अशें ताका दिसलें. अप्पान आपल्या वांट्याक जमीन बरयिल्ल्याची याद जाली. हांव एकलें हे जमनीचें कितें करतलें? वेंकटेशाकूच तें पळोवं दी. शेत पिकतकीच, लुयतकूच, नाल्लाचो पाडो जातकीच कितेंय चार पयशे धाडल्यार पुरो. नाजाल्यार नाका - अशें सत्यान मनातल्या मनांत म्हणलें. रांदप जातकूच खूब वेळ तें कुंडाचे धडेर मोन्यांनी बशिल्लें. उठून जेवणाचें काम आटपुचें अशें म्हूण तें उठ्ठनाच वंयेचें दार काडून मातंगी भितर येता ती दिश्टी पडली. स दिसांपयलीं सत्यान तिका पळयिल्ली तेन्ना काळोख आशिल्लो. तेखातीर तिका सारकें पळोवपाक मेळूंक नाशिल्लें. पूण आतां तिका पळयतकूच सत्याच्या लक्षांत आयलें. घोव मेल्ले बायलेवरी सामकी कृश जाल्ली. म्हऱ्यांत येतनाच तोंडात पदर कोंबून ती भितरले भितर रडूंक लागली. कितलेंय समजायल्यार लेगीत पंदरा मिणटां रडत रावली.

मागीर सत्यान, 'भितर यो' अशें आपयल्यार लेगीत खोंपीच्या दाराकडेनूच उबी रावली. आग्रो केल्यार लेगीत भितर आयली ना.

तिचे खातीर अप्पान पयशे दवरल्यात म्हूण सांगतकूच तिणें, 'बेट्टय्यान सगळें सांगलें' अशें म्हणून परतींय दोळ्यांत दुकां हाडलीं. खिळ्याक लायिल्ली पोती काडून कपड्याची ल्हान पोटली सोडोवन नोटांचो कवळो मुखार करतकूच, 'नाका' अशें म्हणून हात फाटीं घेतलो. 'हांव पयशे व्हरपाक येवंक ना. तुका पळोवपाखातीर आयिल्लीं. तुगेल्या अप्पान तेन्ना तीन हजार दिल्ले. दागिने करून घेतल्यात.'

'तेन्ना दिल्ले ती वेगळी गजाल. हे तुज्या नांवान तांणी दवरल्यात. घे' अशें म्हणून आग्रो केल्यार लेगीत घेतले ना.

'पयशे घेवपाक हांव रांड काय कितें?' अशें मातंगीन विचारलें.

'कोणूय रांड बायलेक आपले फाटल्यान पयशे दिनात. तूं तांगेली बायलूच आशिल्ली अशें समज.'

'अशें उलोवंक जायना बाय.' मातंगीन भिवन म्हणलें.

'तशें जाल्यार तुगेलो आनी तांचो कसलो संबंद आशिल्लो?' अशें विचारतकूच ती गडबडली. येवजिल्यार लेगीत समजुपासारको संबंद न्हय. आपूण मांग आसतना ब्राह्मणाची बायल कशी जावं? पूण तांगेली रांड जावन रावपाची तिची इत्सा नाशिल्ली. जाल्यार हो कसलो संबंद? तिणेंच सांगलें. 'बाय, म्हज्या आनी तुगेल्या अप्पाभितर अशें आशिल्लें हें कोणाक सांगनाकात. हांव कितलींय जाल्यार मांग जातींतली. ते ब्राह्मण. मरतकूच तांच्या नांवाक दाग लागपाक नाका.'

सत्या मातंगीचें तोंड पळयत रावलें. तिच्या उलोवपांत फटींगपणा जाणवलीं ना. सत्यान मुखार वचून तिचो हात धरलो. ब्राह्मण चलयेन आपल्याक हात लायलो म्हूण ती भिवन फाटीं सरली. तिगेल्या विरोधाकडेन लक्ष दिनासतना नोटींचो कवळो तिगेल्याच पदराक बांदून सत्यान म्हणलें, 'अप्पान हे तुका दिवपाक सांगिल्ले. तुवें ना म्हणलें जाल्यार तांचो जीव सर्गांत कसो वतलो? दवरून घे. जाय जाल्यार दागिने करून घे.'

'कितें म्हणटा बाय तूं हें? ते मरतकीच म्हाका कित्याक दागिने?'

सत्याक आपूण कितें उलयलें हें लक्षांत आयलें 'आसूं तें आतां. हांवें रांदलां. जेवण कर आनी वच.'

मातंगीन नाका म्हणल्यार लेगीत आयकनासता एका पानाचेर सार-शीत वाडलें. मातंगी खोंपीभितर आयलीना. दाराभायरूच कुशीन बसून

जेवली. जेवण जातकूच आपलें पान काडून वंयेच्या भायर उडयलें. कुंडाच्या देगेर कांय अंतराचेर सत्याक उदक घालपाक सांगून तिणें हात धुले. सत्याक पिवपाक उदक घालपाक सांगून आपल्या पोशांतल्यान उदक पिली. आनी आपल्या साडयेन तोंड पुसलें 'वतां हांव' म्हूण सांगून थंयच्यान गेली.

4

मातंगी वतकूच कांय वेळान वेंकटेश थंय आयलो. भयणी मुखार कुंडाचे धडेर बसून वेंकटेशान म्हणलें, 'हांगा एकलेंच रावता. हे कसलें पिशेंपण तुगेलें?'

'पिशेंपण न्हय, कांयच न्हय. हांगा रावनशें दिसता म्हूण रावतां इतलेंच.'

'हे पिशें-बिशें काय न्हय? तुका आनी कोण सांगतलो?' अशें म्हणून वेंकटेश अप्पाच्या श्राद्धाविशीं उलयलो. सातव्या दिसासावन क्रिया-कर्माक सुरवात करूंक जाय. फाल्यांच तावरेकेरेक वचून सामान-बिमान हाडूंक जाय. तुवें घराकडेन येवन जापसालदारकेन सगळें पळोवपाक जाय. -अशें सगळें सांगलें.

'श्राद्धाचेर तुजो विस्वास आसल्यार तूं कर. म्हजो ताचेर विस्वास ना.' अशें सत्यान म्हणलें.

'मेल्ल्याक घांसभर अन्नूय दिवचें न्हय अशें म्हणटा तूं?' अशें वेंकटेशान म्हणलें.

'शिताचे तीन गुळे करून, दर्भाचेर दवरून मंत्र म्हणल्यार ते अप्पाक पावतले अशें तुका दिसता? मरतकूच आत्मो नावाचें कितें उरता अशें दिसता? आसलो जाल्यार कितें जाता, खंय वता. कोणाक खबर आसा हाचेविशीं? अप्पान तुका कठोपनिषद् शिकयलें तेन्ना म्हाकाय शिकयिल्लें. ताचेर विस्वास दवरपाचो म्हणल्यार फकत ब्राह्मणाक आपोवन जेवण घालपाक सांगपी जाती-सिद्धांत. हें शास्त्र म्हाका जाल्यार पटना बाबा.'

'ब्राह्मण म्हणल्यार जांणी वेदाध्ययन, वेदाचो अभ्यास केल्ले गिन्यानी.'

'तसले तुका खंय मेळटले? मेळ्ळयार लेगीत ते ब्राह्मणाचे कुळांतूच जल्मल्ले आसपाकूच जाय असो कित्याक हट?'

'सत्या तुगेलें एम.ए. ऑनर्साचें गिन्यान म्हाका खबर आसा. तुका कांयच नाका. म्हाका गांवांत चारचौगांमदीं रावन संवसार करपाक जाय. चार लोकांनीं

नांवां दवरपा सारकें आपणें वागचें न्हय. जें शास्त्राप्रमाण करपाक जाय तें हांव करतलोंच.'

'हांव तुका विरोध करना. लोक नांव दवरतले म्हूण भियेवन तूं हें करता? तुजी स्वताची तशी श्रद्धा आसल्यार जें शास्त्र करपाचें आसा तें कर.'

'श्रद्धा आसाच आनी हांवें तशें आजून कांयच सोडलें ना.' म्हणटना, 'तुजेभाशेन' हें तातुंतल्यान स्पश्ट जाणवतालें. पूण सत्यान जाणविकायेन थंय दुर्लक्ष केलें. आनी तें ओग्गी रावलें.

दोन मिणटांनीं वेंकटेशान म्हणलें, 'पळय, सुतक सोंपचे पयलीं हो विशय काडप योग्य न्हय. पूण अप्पाचें सुतकूच आशिल्ल्यान तशें पळोवंक गेल्यार उलोवपाक कांयच हरकत ना. जितले बेगीन हें कार्य जातलें तितले बेगीन तांकांय शांती मेळटली. तीच गजाल मनाक लावन घेवन ते गेले.' अशें वेंकटेशान म्हणलें.

'खंयची गजाल?' सत्यान विचारलें.

'तुगेल्या लग्नाची गजाल. तुवें त्या रांडेपुताचेर मोग केलो. पूण तो ताका पात्र तरी आशिल्लो? एका बऱ्या घराण्यांतली चली पळोवन ताणें लग्न केलें. आतां एस्.एस्.एम्.एस्. म्हणल्यार श्री श्रीनिवास मोटर सर्विस नावांची नवी बस लायन स्थापन करून चार बशी रस्त्याचेर हाडल्यो. आतां ह्या पंदरा दिसांत दोन ट्रक घेतल्यात खंय.'

'पूण आतां बस ट्रान्सपोर्ट सरकारान आपल्या हातांत घेतलो न्हय? ताचें राष्ट्रियीकरण जाता न्हय?'

'तांकां जाय जाल्यार आपल्या मनशांक आड रस्त्यावयल्यो लायनी दितात. व्हडल्यो व्हडल्यो लायनी मात सरकाराकडेन आसात. ताच्या मांवाच्यो मळवळ्ळी कडेन धा लायनी आसात. मावाचें डायरेक्शन आनी जांवय पयसो वगडायता, स्वाती पावसावरी. हाचेमदीं घट्टण जालें तें फकत तुजेंच. तूं म्हणटलें हांव कॅर करना, पूण एकलीच भायण अशीच रावली जाल्यार लोक म्हाका कितें म्हणटले? जगांत तो एकलोच आसा काय कितें पयशे पळोवपी? हांव सांगतां तें आयकून घे. तूं एम्.ए. मेरेन शिकलां. तेप्रमाण एम.ए.एल.एल.बी वा एम्.ए. पी.एचूडी हातूंतलो खंयचोय शिकिल्लो नवरो सोदया. पूण इतलें शिकिल्ल्या चल्यांमुखार लग्नाचो प्रस्ताव कसो मांडपाचो हाचो म्हाका अणभव ना. तूंच सांग, अशें अशें करपाक जाय म्हूण. पंदरा वा वीस हजार खर्च जावंदी. श्रीनिवासाचें नाक कापपासारकें लग्न करून, मोटारीन मिरवणूक काडटां आनी तंजावूरांतले वाजंत्री हाडून वाजप लायतां.'

भावाच्या ह्या उलोवण्याकडेन सत्यान पुरायेन दुर्लक्ष केलें ना. गंभीरतायेन विचार करून ताणें म्हणलें, 'दुसऱ्याक मोठेपण दाखोवपाखातीर तुवें कित्याक असो पयसो वगडावपाक जाय?'

'दुसऱ्याक कमी लेखपाचें म्हणल्यार? रस्त्यावयल्यान वतल्या हेरांच्या व्हडपणाखातीर म्हणटा काय कितें हांव? तूं कपड्यांच्या दुकानांत काम करता हें आमकां सोबता? सगळ्या गांवभर जालां हें!'

सत्याक अजाप दिसलें. पूण तातूंत सत्याक स्वताक अपमान जाल्लेवरी दिसलें ना. बेट्टटय्याकडल्यान खबर पयलीं दोगा-तिगांक कळून तांचेकडल्यान उपरांत सगळ्यांक पावली आसतली. इतल्यांत वेंकटेशान म्हणलें, 'मेलगिरीगौडा चल्याच्या लग्नाक उंची साडी घेवपाक म्हूण बायलेवांगडा तुगेल्या दुकानांत आयिल्लो खंय. शेट्टीन सांगिल्लेभशेन तुवेंच साडयांची घडी उक्ती करून पदर, देग दाखयले खंय. 'असलें काम करपाची लायकी आशिल्ले चलयेक म्हजी सून कशी करून घेतलों?' अशें ताणें आपल्या गांवातल्या रयताच्या मुखेल्याकडेन वचून सांगलें.'

'पूण अशें कांय घडलेंच ना. म्हाका पळयतकूच तीं सगळीं दुकानांतल्यान भायर सरून गेलीं.'

'ते परते आयले आसतले. पूण तो लोकांक अशें सांगत भोंवता आसतलो. कडगदहळ्ळी बोंगनिंगप्पा इलॅक्शनांत जिखलो खबर आसा न्हय? हांवें ताचेखातीर कितलें काम केल्लें. थंय तांच्या विरोधांत सोशलिस्ट पार्टीचे नारायणराय उबे राविल्ले. तांकां मतां दिवंनाका म्हूण सांगपाक ताणें कसो प्रचार केलो तो. 'हजारानीं वर्सांसावन ब्राह्मणाच्या बायलांनी घरांत बसून खावन आपली कात गोरी करून घेतल्या. आमच्यो बायलो वता-वाऱ्याक शेतांत कश्ट करून काळ्यो जाल्यात. त्यो बाबड्यो ब्राह्मणागेर वचून उश्ट्याचीं आयदनां घांसताल्यो. म्हज्या हातांत आनीक धा वर्सां सत्ता येवंदी. ह्या ब्राह्मणाच्या बायलांक आमच्या घरांत सान्न मारून निवळ करपाक लायतलों आनी आयदनां लेगीत घासूंक लायतलों. आमच्या शेतांत वतां-वाऱ्याक कश्ट करपाक लायतलों' अशें तो सांगतालो.' अशे तरेन प्रचार करून ताणें मतां आपल्याक घेतल्यांत.

'हें सगळें कानार पडटकूच तुवें तांगेलें काम कित्याक केलें?'

'कितें करतलों? राजकारण म्हणल्यार हें सगळें करपाकूच जाय.'

'राजकारण सोडून जगपाक जावचें ना?' सत्यान म्हणलें.

'तशें कशें जातलें? खंयचेच बाबतींत मुखार वचपाक जाय जाल्यार राजकारण जायच. 'कितेंय करून बोरनिंगप्पा जिखतलो हाचेकडेन लक्ष दी. हांव तुका एक मोटार-लायन मेळोवन दिवपाची वेवस्था करता' अशें मेलगिरीगौडान सांगिल्लें. आतां तागेल्या चल्याच्यो चार लायनी जाल्यात आनी हांवें विचारल्यार सांगता 'सरकार नॅशनलायज करता, प्रायव्हेट लायनींखातीर परवानगी दिवं नाका, अशें नेहरूनच पत्रांतल्यान कळीत केलां.' अशें नाटक करून दाखयता.'

हाचेर सत्या परतें उलयलें ना. श्रीनिवास आनी तागेले बायलेक पळयतकूच तागेलें मन विचलित जाल्लें. मनावयलो ताबो सुटिल्लेवरी जाल्लो. कशेभाशेन मनाक सावरून ताणें बापायचे मानसिक भलायकी इबाडिल्लेकडेन लक्ष घाल्लें. आता परती खवळी भरपाक येवच्या वेळार जखमेक नाखूट लायिल्लेवरी जालें.

वेंकटेशान मुखार सांगलें, 'तांचे जातींतल्या घरांत ब्राह्मणाच्या बायलांक आयदनां घासूंक लायतलो अशें तांणी म्हणिल्लें तें दुसऱ्याच दिसा म्हज्या कानार पडलें. तेन्ना दिसलें हांकां धडो शिकोवपाकूच जाय. त्याच दिसा बोरनिंगप्पाचे इलेक्शनाचे गाडयेन तुमकूरांत गेलों आनी तुगेले भावजेक वज्रांवेड आनी नाकांतली वज्राची नथ करपाक दिली. अडेच हजार गेले. नग घराकडेन हाडले त्याच दिसा तोय गांवांतूच आशिल्लो. ताका मुद्दाम दाखोवन म्हणलें, 'म्हजे बायलेक वज्राच्यो वेडीच जाय खंय. साद्यो खड्याच्यो घालना म्हणटा. ह्यो पळय केल्यात. जातीचो मान राखपासारकेच दागिने घालपाक जाय न्हय!' अशें म्हणलें. हें आयकून तागेलें तोंड देंवलें.'

वेंकटेश उलयता तें आयकून सत्याक कितें म्हणचें तें कळ्ळें ना. तागेलें मन गंभिरतायेन विचार करूंक लागलें.

वेंकटेश म्हणटालो. 'मोन्यांनी हांव कितें सांगता तें आयकून घे. हांव खर्चाचो हुस्को केन्नाच करिना. योग्य स्थळ पळोवन तुगेलें लग्न करतां. तशें केल्यार ताच्या तोंडार मारिल्लेवरी जातलें. लग्नाचो दोगांयचो व्हडलो फोटो दिसाळ्यांत घालपाचीय वेवस्था करतां.'

सत्या आतां लेगीत ओग्गी आशिल्लें. पूण तागेलीं उलोवणीं कानार पडून वेवस्थीत लक्षांत वतालीं. वेंकटेश बशिल्लो तो उठून भाटांत एक भोंवताडो काडून आयलो. वंयेंक खंय बुराक पडल्यात? खंय मोडपाक आयल्या हाची ताणें पळोवणी केली. माडाचे नाल्ल जून जाल्यात. फाल्या-परां नाल्लाचो पाडो करपाक जाय, तिथीकूय शंबर-देडशीं नाल्लांची गरज आसा. असो ताणें हिशेब केलो. सत्या कुंडाकडेन बशिल्लें. सत्या म्हऱ्यांत उबो रावन ताणें विचारलें

'खोंपीत दोन हजार रुपये आसात म्हणटालें न्हय, ते दी. फाल्यां तिथीचें सामान हाडूंक तावरेकेरेक वचपाक जाय.'

आपल्याच विचारांत गुल्ल आशिल्ल्यान सत्याक तागेलें उलोवणें लक्षांत गेलें ना. ताणें परतें विचारतकूच सत्यान सांगलें, 'आयज सकाळीं मातंगीक आपोवन तिका दिले.'

'तिका कित्याक दिले?'

'तिकाच ते पयशे दिवपाचे अशें अप्पाच्या मनांत आशिल्लें.'

'पिशें लागून बुद्ध पेड्ड्यार जातकूच तांगेल्या मनांत खंयचोय हेत येतलो. तुवें कित्याक दिले?'

'वेंकटेश, दिवप होच खरो धर्म. तिचो आनी अप्पाचो तीन वर्सां संबंद आशिल्लो खंय. एक चलो लेगीत जाला तिका.'

'ती हलकट रांड आपले गरजेखातीर आयिल्ली आसतली आमगेल्या अप्पाकडेन, तातूंत गुरवार जाल्यार, तिका पयशे कित्याक दिवंक जाय? तुवें कोणाक विचारून ते दिले?'

'अप्पानूच हाडून दवरिल्ले न्हय?'

'तो पिसो मेलो. तो मरतकूच ह्या घराचो मुखेली कोण? म्हाका विचारनासतना सांगनासतना इतलो व्हडलो वेव्हार करपाक तुका अधिकार कोणे दिलो?'

सत्यान ताची जाप दिलीना. 'गरजेभायर कित्याकितेंय करता. चेडी खंयचें! आपले हद्दीभितर राव' अशें म्हणून घराकडेन गेलो. वेंकटेशाचें उलोवणें सत्याच्या मनाक खूब लागलें. श्रीनिवास आपले बराबरीचे, आपल्यापरसूय गिरेस्त कुटुंबातले चलयेकडेन लग्न करून मेकळो जालो. तेंय आपलेकडेन जायनासतना रोखडेंच तीन म्हयन्यांनी. आता चार बशी, दोन ट्रक दवरल्यात. ताका जाय तितलो पयसो मेळटा. बायल गुरवार. पळिगाराचो वंश वाडटा. ताचो बापूय सामको दुस्वासी हें फट न्हय. नाजाल्यार तो मंत्री कसो जाताशिल्लो? ह्या गांवात रावन तांचीं तंत्रां आपणायनासतना जिवीत सारप सामकें कठीण. ते नदरेन पळोवंक गेल्यार वेंकटेश सांगता तें खरें. श्रीनिवासान अशें कित्याक केलें? तागेल्या मोगाची खोलाय इतलीच आशिल्ली म्हणपाची? हांवें ल्हानपणासावन जें पळयिल्लें तें तागेलें फकत नाटकी बाह्यरूपच काय कितें? तो खरो श्रीनिवास न्हयच. तो तिरुमलेशगौडा. हाचे उपरांत म्हजो आनी ताचो कसलोच संबंद ना. तशी शक्यताय लेगीत ना. मागीर म्हजो मार्ग खंयचो?

त्याच कपड्याच्या दुकानांत नोकरी करपाची? नाजाल्यार विंगड खंयची तरी चड पगाराची नोकरी सोदपाची? येत्न केलो जाल्यार चड पगाराची नोकरी मेळपाक शकता. जेवण-खाण, कपडे-बिपडे घेवपाखतीर त्रास जावचे नात. पूण तो काय मुखेल प्रस्न न्हय. कितले दीस आपणें अशेंच एकलें रावपाचें? अप्पा मरतकीच अशी एकमूळेपणाची भावना सत्याच्या मनांत घर करून रावली. ह्या भाटांत अशेंच एकलें धा दीस रावपाक शकतां. चडूच जाल्यार तीन-चार म्हयने रावंक जाता. पूण आयुश्यभर अशेंच रावप शक्य ना. वेंकटेश म्हणटा तें एका अर्थान खरें. योग्य असो वर सोदून लग्न जावपाक जाय. वेंकटेशान सांगिल्लें सत्याच्या मनाक सामकें पटपाक लागलें. ताचें नाक कापतलें असल्याच चल्याकडेन लग्न जावपाक जाय. म्हणल्यार तांचेवरी खर्च करून पयशे वगडावपाक नाका. योग्य सुशिक्षित आनी हुशार चलो सोदून ताचेकडेन लग्न जावंक जाय. श्रीनिवास काय तितलो हुशार ना. अभ्यासांतूय तितलो हुशार नाशिल्लो. अशें कशें हांव ताचेकडेन आकर्शित जालें? हाचें ताचे ताकाच अजाप दिसपाक लागलें.

आपूणय लग्न जावन श्रीनिवासापरस चड सुखी जावपाचें ताणें पुराय सांजवेळ सपन पळयलें. ताचेबगर आनीक कसलोच विचार सत्याच्या मनांत आयलो ना. आनी तातूंत बदलूय जालो ना. रातीकडेन रांदिल्लें कांयच नाशिल्लें. दनपरां केल्लें मातंगीक अर्दें वाडिल्लें. तेखातीर परते तांदूळ धुवन घेतले आनी रांदन पेटयली. तोंडाक लावपाक कितेंय करचेशें दिसलें ना. कांतिल्ली सोय आनी मीठ घालून आनी धंयान शीत कालोवन जेवपाचें थारायलें. आनी साराखातीर दाळ शिजोवपाचो विचार मनांतल्यान काडून उडयलो. रांदून जेवसर रातीचीं आठ वरां जालीं. अप्पा न्हिदतालो तें मल्ल घेवन ताचेर साक घालून न्हिदलें. बेश्ट्या साकाचेर न्हिदिल्ल्यान आंगाक ताचीं कुसां तोपतालीं. आंगार पांगुरपाक घेतिल्ली गोजडी लेगीत उबदार लागनाशिल्ली. जेष्ठ म्हयनो लागलो तरी पावस झडूंक नाशिल्लो. पूण थंड वारें व्हांवतालें. हांव हांगा अशें कित्याक न्हिदलां? हो वनवास कित्याक, उठून गांवातल्या घरांत वचून उबदार पांगरूण घेवन न्हिदचें अशें दिसपाक लागलें. पूण उठून गेलें ना. उबदार घराची याद काडीत थंय न्हिदून पडलें. कसलो पुरुषार्थ दाखोवपाखातीर हांव हांगा शिंयात कुडकुडटां - अशें ताका दिसूंक लागलें.

इतल्यांत भायर वारें सुटलें. त्या वाऱ्यान माडांचीं सुकिल्लीं तीन-चार चुट्टां, पोंयो पडल्यो. पयस कोणाच्या तरी भाटांत दोन-तीन नाल्ल पडले ताचो आवाज आयकुवपाक आयलो. सत्याक भंय दिसपाक लागलो. ह्या सगळ्या

शेतां-भाटांच्या मदेंकात, मसुंडेकडल्यान दोन फार्लांग अंतराचेर, व्हडल्या तळ्याच्या फाटल्यान हांव कित्याक एकलेंच रावतां? कशें रावतां? इतले दीस हांव कशें रावलें? एकाद्र्या भूतान झपाटप असले अवस्थेंत आशिल्लें. पूण आतां ल्हवू ल्हवू मन थाऱ्यार येतालें. तेवीस वर्सांचे चलयेन एकलेंच असल्या वातावरणांत रातच्या वेळार रावप म्हणल्यार कितें? उठून वचूंक जाय. आतांच वचूंक जाय. पूण ताच्यान उठपाक जालें ना. कोणेंतरी बळजबरेन न्हिदोवन दवरलां अशें ताका दिसतालें. स्वताच्या मनाकडेन अलिप्तपणान पळोवपाक लागलें. उठून भायर वचून गांवांत वचपाक भंय दिसूंक लागलो. भायर खूब काळोख पातळिल्लो. माड सगळे काळे भूतावरी उबे राविल्ले. वाटेवयलीं झाडांलेगीत भूतावरी दिसतालीं. तांच्या पोंदांतल्यान वचपाक जाय. व्हाळाचे वयलेवाटेन देवूळ. ताचे पलतडी तळेबांद. त्या बांदामेरेन आयिल्लें तें व्हडल्या तळ्याचें उदक - त्याच उदकांत अप्पा बुडून मेल्लो. नुस्त्यानीं लोबदे तोडिल्ली अप्पाची कूड. तिचे यादीन ताचो भंय आनीकूय वाडलो. आनी मनांन आनीक खंयचोय विशय हाडपाचो येत्न केल्यार तें शक्य जायनाशिल्लें. ह्या भंयान आपूण हे रातीं मरतलें अशेंय ताका दिसूंक लागलें.

मध्यान्न जातकूच सत्याक एक उपाय येवजलो. अप्पा मरतकूच हवनकुंड पेटयलेंच ना. तें तरी पेटयलें जाल्यार भंय कमी जातलो. रोखडेंच उठून फस्काकाडयेन लापयांव पेटयलो. लाकडाचे कुडके खोंपीचे फाटलेवाटेन आशिल्ले. उठून खोंपीभायर वचप शक्य नाशिल्लें. निमणें सत्यान रांदपाखातीर म्हूण हाडून दवरिल्ल्या लाकडांतले उरिल्ले कुडके हवनकुंडांत घाले. आनी एका हातांत लापयांव घेवन धिटाय एकवटावन सत्यान दार उक्तें केलें आनी खोंपीचे फाटलेवटेन आशिल्लीं दोन लाकडां हाडून लायलीं. अग्नी पेटलो. रोखडोच त्या कुडक्यांनी पेट घेतलो. अप्पा हवन करतना मंत्र म्हणटालो ताची याद जाली. याद जाता तितलें तें गुणगुणलें. त्या उज्यान ताच्या आंगाक मात्शी हूनसाण मेळ्ळी. वेंकटेशान सांगिल्ल्या उतरांकडेन तागेलें मन परतें वचपाक लागलें.

'ब्राह्मणांच्या बायलांक आपल्या शेतांत कामाक दवरतलों' अशे मेलगिरीगौडान म्हणिल्लें. ताणें तशें म्हणलें हातूंत अजाप दिसपासारकें कांयच ना. ताचो सभावूच तसो. तेखातीर वेंकटेशान आपले बायलेक वज्रावेडी, नथ कित्याक करपाक जाय? ताचो हांगा कसलो संबंद? वेंकटेशाचें मन लेगीत तितलें सारकें ना. आता सत्याचें मन विंगड नदरेन विचार करपाक लागलें. फाटले कितलेतरी शेंकडे जाले त्यो बायलो शेतांत काम करीत आयल्यात. आमच्यो बायलो केन्नाच शेतांत कामाक गेल्यो ना. पयलीं ऋषी-मुनींच्या

काळांत आमच्यो बायलो रानांतल्या आश्रमांत रावन जनावरांक पाळून, तांची देखभाल करताल्यो. ब्राह्म म्हूर्तार शिंयाच्या दिसानीं कुडकुड्यांत न्हातालीं. तेंय थंड उदकांत. नागरी संस्कृताय वाडली आनी ब्राह्मण शारांत रावपाक लागले. तेन्नासावन आमगेल्यो बायलो काम-धंदो करिनासतना भिजूडावरी रावपाक लागल्यो. एके नदरेन मेलगिरीगौडाचें म्हणपूय खरें. आमगेल्या बायलांनी लेगीत शेतांत काम करपाक जाय. पूण 'आमचे जातीच्या लोकांच्या शेतांत ब्राह्मण बायलांक कश्ट करपाक लायतलों.' हें मंत्र्याचें उलोवणें फकत नसायेक लागून आयलां. तो एकतरेचो प्रतिकारूच. पूण ह्या मंत्र्याच्या घरांतली खंयची बायल भायर वचून कमायता? पाळेगारांचें घराणें ताचें. 'राज्यकारभार पळोवपी घराण्यांतल्या बायलांनी मातयेक हात लावपाचो? असो आजो म्हणटा' अशें श्रीनिवास एकेक फावट सांगतालो.

इतल्यांत भायर खंयतरी पावस शेनूंक लागलो. परते पावसाचे थेंबे थेंबे पडपाक लागले. व्हडलो पावस पडपाक लागूं नाशिल्लो. परतें वारें व्हावंक लागलें. हाचेवयल्यान दिसतालें, खंयतरी पावस पडला वा पडपाचो आसा. पावसाचो सुगंद. मातयेचो सुगंद. सत्यान एकफावटी एक दीर्घ स्वास घेतलो. मातयेचो वास कितलो बरो! ल्हान आसतना तें आनी वेंकटेश दोगांय मेळून फाटलेवाटेन वचून बागेंत फोंड काडून रोपलीं लावन ताका उदक घालतालीं ताची याद जाली. तापिल्ले जमनीचेर उदकाचे थेंब पडटकूच येवपी हो सुगंद. आतांय तसलोच वास येतालो. भायर वचून तो गंध नाकांतल्यान पिवचो अशें सामकें दिसलें. उठलें आनी खोंपीचें दार काडून भायर येवन उबें रावलें. वारो भितर सरलो. भितरलो उजो वाऱ्यान हेवटेनतेवटेन जावंक लागलो. दार धांपून भायर येवन उबें रावलें. मातयेच्या वासान तें उमेदीत जाल्लें. मोगऱ्यांचो गजरो दोनूय हातांत घेवन दीर्घ स्वास घेवन उमेदीत जातात तशें तें धर्तरेचो गंध घेवन उमेदीत जालें. सात-आठ पावलां मुखार वचून निकतोच रोव घाल्ल्या जाग्याचेर बसलें. थंय पावस शिरशिरिल्ल्यान पावसाचे थेंबे पडून बारीक बारीक गुळयो जाल्ल्यो दिसताल्यो. हो सुखाचो अणभव घेवन कितलींतरी वर्सां जाल्लीं म्हूण तीव्र भावनेन सत्यान तो गंध नाकांत भरून घेतलो. पोसोभर माती उखलून, नाकाकडेन व्हरून सत्यान एक दीर्घ स्वास घेतलो.

थंयच कितलो वेळ तें मातयेंत बसून रावलें. भोंवतणचो काळोख अजुनूय तसोच आशिल्लो. मळब कुपांनीं भरिल्लें. आतां ताच्या मनांतलो भंय साप्प नाजावन गेल्लो. आपूण हाचे पयलीं इतलें कित्याक भियेल्लें? बायलमनीस म्हूण भियेवपाचें? सत्याक अकस्मात याद जाली. मातंगी ह्या भाटांत रातीं आठ

वरांचेर येताली खंय. पुनवेच्या दिसांनी ती येनाशिल्ली खंय. काळखी रातीकडेनूच अप्पा म्हऱ्यांत येताली आनी एकलीच शेताचे मेरेवयल्यान वताली खंय. तिगेले जातींतल्यो बायलो आयजलेगीत काळोख, पावस-वारो कित्याचीच पर्वा करिनासतना एकल्योच भोंवतात. मध्यान्नेरलेगीत तळ्याकडेन सहजतायेन येवन वतात. मागीर आमच्याच मनांत हो भंय कित्याक? अशें सत्यान चिंतलें. भितर अग्नी पेटिल्लो आसलो तरी खोंपीचें दार बंद केल्लें. काळखांत अस्पश्ट दिसपी माडांक पळयत सत्यान एक भोंवताडो मारलो. ताच्या मनांत एक विचार आयलो. अप्पान कशीय स्वताची अर्द जमीन म्हज्या नांवार केल्या. हांवें हांगाच रावपाक जाय. स्वताचे जमनीचेर कसपाचें. शूद्र बायलांभाशेन मातयेंत हात घालून शेतांतलीं कामां करपाचीं. ह्याच भाटांत रावपाचें. जेन्ना शक्य जातलें तेन्ना हांगाच एक ल्हानशेंच घर बांदून रावपाचें. हांवें शूद्र जावन रावपाक जाय. मातंगीपरसूय चड शूद्र जावन रावपाक जाय.

अकस्मात इतल्या कमी वेळांत प्रबळ जाल्ल्या ह्या शुद्रत्वाच्या विचारान तेंच अजापीत जालें. पूण ह्या विचारांत एकतरेचें आकर्शण आशिल्लें. होच आपलो मार्ग असो निश्चेव करून तें परतें खोंपीत आयलें. हवनकुंडातले दोनूय लाकडाचे दामे उज्याचे भकीक पडिल्ले. सत्याक अजाप दिसलें. मंत्र नाशिल्ले, तंत्र नाशिल्लें. पूण हवनकुंडांतलो अग्नी मात सामको भगभगतालो. पूण हें कुंड पेटयतकूच आपल्या मनांतलो भंय कमी जालो. तशेंच भायले ओले मातयेचो पोट भरून वास घेतनाय ताका भंय दिसूंक नाशिल्लो. आतां हांगा भितर येतकीच हातूंत कांय अर्थ ना अशें दिसलें. हांव ब्राह्मण न्हय? अचकीत सत्याक याद जाली आनी ताणें मातयेन भरिल्लो उजवो हात पोल्कांत घालून अप्पान गळ्यांत घाल्लें जानवें सांसपून पळयलें. हांव काय आचमन करिना वा गायत्री मंत्राचें पठणूय करिना. हें जानवें काडून उडोवं? अशें ताका दिसलें. पूण तागेलें मन तयार जालें ना. अरुंधती येसर ह्या अग्नीची राखण करपाची जापसालदारकी तुजी अशें सांगून अप्पान आपल्याक यज्ञोपवित घालून गायत्री मंत्राचो उपदेश केल्लो. अप्पान पिशेपणान केल्लें हें काम अशें मानपाक ताचें मन तयार जालें ना.

सत्याक न्हावचेंशें दिसलें. काल उमळून सुकयिल्लो घागरो, पोल्क, साडी घेवन तें कुंडाकडेन आयलें.

## 5

सव्या दिसा वेंकटेशाचे मांय-मांव घराकडेन आयलीं. त्याच दिसा तिथीक

समान हाडपाखातीर वेंकटेश तावरेकेरेंत गेलो. बँकेंत तागेलें विंगड खातें आशिल्लें. थंयच्यान दोन हजार काडले आनी बाजारांत वतालो इतल्यांत कृष्णप्पा वकील ताका मेळ्ळो. दुख्ख उक्तावन ताणें मुखार म्हणलें, 'मरपाची इत्सा तांच्या मनांत पयलींच आशिल्ली काय कितें! म्हूणच तांणी म्हाका दिसता विल् बरोवन रजिस्टर लेगीत करून उडयलें.'

'कसलें विल्?' वेंकटेशान अजाप जावन विचारलें.

'देवाची पुजा करपाची इत्सा आसल्यार देवस्थानाची जमीन सगळी चल्याक. स्वताच्या जमनींतलो चल्याक, चलयेक समान वांटो खंय. बाकीचो तपशीळ म्हज्या लक्षांत ना. हांवेंच बरयलां तें. अजूनमेरेन तुमी सब-रजिस्ट्रार ऑफिसांतल्यान पत्र घेतलें ना दिसता.'

सरळ मार्ग समजून सुशेगाद चलतासतना अचकीत पांय मदींच तिरपता तशें वेंकटेशाक जालें. सावरपाक ताका मात्सो वेळ लागलो. दोन मिणटांनीं ताणें म्हणलें, 'म्हाका एका शब्दांत विचारिनासतना तुमी कशें बरयलें?'

'आयजूच जावंक जाय अशें तांणी म्हणलें. हांवें तुगेल्या अप्पाक समजावपाचो येत्न केलो, तशें बरोवपाची गरज ना, नवो कायदोच तसो आयला म्हूण सांगलें. तरिकूय तांणी म्हजें कांयच आयकनासतना म्हाका बरोवपाचो आग्रोच केलो.'

'कितले दीस जाले?' अशें वेंकटेशान म्हणलें.

'सारकी याद जायना. म्हज्या अदमासाप्रमाण देड-दोन म्हयने जातले.'

वेंकटेश थंयच्यान नीट सब-रजिस्ट्रार ऑफिसांत गेलो. थंयच्या कारकुनाक पांच रुपया दिवन मूळ कागदाची मागणी केली. जाणें बरयलां ताचें अनुमतीपत्र आसलेबगर तें मेळचें ना अशें सांगून त्या कारकुनान त्या मृत्यूपत्राची प्रत दाखयली. रजिस्टर जावन रजिस्टरांत फायल जातकूच आतां ताचो कांयच उपेग जावचो ना म्हूण वेंकटेशान तातुंतलो तपशील एका कागदाचेर बरोवन घेतलो. बाजारांत सामान हाडपाक गेल्लेकडेन ताणें विचार केलो. इतलो पयसो खर्च करिनासतना ते परस अस्तंत वाहिनी वो हरिहराक वचून शंबर-दोनशीं रुपया खर्चून दर्भ तोडून, तीळ-उदक सोडून मोन्यांनी येवपाक जाता. बायल गुरवार, घरांत करपी कोण ना अशें सांगल्यार जालें. ह्याच विचारांत तो बसस्टँडार आयलो. पूण दुसरो विचारूय ताच्या मनांत आयलो. घरांतल्या कामांत मजत करपाखातीर मांय-मांव आयल्यात हें वाड्यावयल्या ब्राह्मणांक खबर आसा. आतां हांवें दुसऱ्या गांवात वचून क्रियाकर्म करपाचें थारायल्यार पयशे वांचोवपाखातीर ताणें अशें केलें हो ठपको पडटलो. वैकुंठ समराधनेच्या

दिसा - तेराव्याक शेतकार भावांक जेवण घालपाक जाय. ह्या खर्चाक आनी दुसरो उपाय ना. म्हूण तो परतो बाजारांत गेलो. आनी बरोवन हाडिल्लेप्रमाण सामान विकतें घेतलें.

घराकडेन येतना तो परतो येवजुपाक लागलो. रजिस्टर जाल्ली तारीख पळयल्यार अप्पा बेंगळूरातल्यान नीट्ट तावरेकेरेंत आयिल्ले. आतां सत्या रावता तोच जागो सत्याक मेळपाचो अशें तातूंत बरयलां. हें सगळें पळयत जाल्यार सत्याक पयलींच सगळें खबर आशिल्लें? सगळें खबर आसून सत्यान कानार केंस काडल्यात काय चेडयेन! आयजमेरेनच्या वेंकटेशाच्या अणभवा वयल्यान तरी अशें दिसून येता, तें कितलेंय हुशार आसलें तरी वेव्हाराचे बाबतींत मात ताका तितलेंशें कळना. एकाद्री ताका खबर नासतली. सत्याकडेन उलयतां उलयतां हें जाणा जावन घेवचें अशें थारावन गांवात येतना पयलीं तो हरिजन-कॉलनीकडेन गेलो. बेट्टय्याक आपोवन घेवन वेंकटेशान ताची खबर घेतली. ताच्या चल्याचेर फटीचो आळ घाल्ल्या गांवकाऱ्यांक गाळी मारल्यो. मातंगी पयशे वेवस्थीत दवरून घेता काय वगडायता हाचेर लक्ष दिवपाक लायलें. मागीर सहज विशय काडिल्लेवरी वेंकटेशान अप्पाच्या मृत्यूपत्राचो विशय काडलो.

'तुगेले भयणीक लेगीत खबर नाशिल्ली. हांव पयर तावरेकेरेंत गेल्लों. तेन्ना कृष्णप्पा वकिलान म्हाका हाचेविशीं सांगलें. पयर सकाळीं ही गजाल सत्याक सांगली.'

हे विशींची सगळी खबर सांगल्या उप्रांत बेट्टय्या थंयच्यान गेलो. म्हणल्यार पयर हांव सत्याक मेळपाक भाटांत गेल्लों तेन्ना ताका खबर आसून लेगीत ताणें ताचो उल्लेख केलो ना. सत्याक ते जमनीचेर हक्क दाखोवपाक जाय म्हूण ताणें तो विशय काडलोना काय अप्पाचें दुख्ख आशिल्ल्यान ताका तें सुचलें नासतलें? कितेंय आसूं हो विशय सावकासायेन ताचेमुखार काडूंक जाय.

तांदूळ, दाळ, भाजी-पालो, समिधा-जळोव, दान दिवपाचे जिनस, गायो घरांतूच आशिल्ल्यो. हाचे वयर दोन हजार खर्च केल्ल्यान श्राद्ध बरेभाशेन जालें. वेंकटेशमूर्तीचो काळ म्हणल्यार वेंकटरमणय्याचो काळ न्हय हें सगळ्यांनी गृहीत धरिल्लें. ताका ह्या थाटामाटान पुष्टी मेळ्ळी. म्हयन्याच्या आनी वैकुंठसमराधनेच्या दिसा सत्या घराकडेन आयिल्लें. पूण न्हिदपाखातीर परतें भाटांत गेल्लें. दुसऱ्या दिसालेगीत एकफावटी येवन गेलें. तें अशें भाटांत रावता तें पळोवन वेंकटेशाच्या मांय-मांवाक अजाप दिसलें. जयम्माच्या दोगांय व्हडल्या भावांकूय अजाप दिसलें.

जयम्माक पयल्या बाळंटेरावेळार गांवांत म्हणल्यार कुळारा व्हरूंक नाशिल्ली. हे खेपेक तरी जयम्माक कुळारा व्हरची अशी तांची अपेक्षा आशिल्ली. पूण श्राद्धाखातीर आयिल्ल्यांनी बाळंटेराखातीर घेवन वचपाक जायना म्हूण तीं तशींच गेलीं. आठ-धा दीस जातकूच वेंकटेशानच तिका पावोवन येवचें अशें थारायलें. दुसऱ्या दिसा वेंकटेशान बायलेक अप्पाच्या मृत्यूपत्राचो विशय सांगलो. जयम्मा सभावान बरी आशिल्ली. आदार नाशिल्ले विधवा चलयेक पोटाखातीर आनी रावपाक घर दिल्यार तिका काय वायट दिसचें नाशिल्लें. पूण आंकवार चलयेक इस्टेटींतलो अर्दो वांटो दिवप म्हणल्यार कितें! म्हणल्यार तें लग्नूच जावचें ना? लग्न जावचें न्हय अशीच मांवाची इत्सा आशिल्ली काय? देवस्थानाची जमीन धरून वट्ट इस्टेटींतलो तीन चतुर्थांश भाग आमकांच उरता. आपलो घोव हॉटेल, दिसाळीं, राजकारण अशा हेर उद्देगांतल्यान पयसो मेळयता. तरीलेगीत घराण्याची संपत चलयेक दिवप म्हणल्यार अन्यायूच! मनांतल्या मनांत तिणें मांवाक आनी नंणदेक गाळीय मारल्यो. पूण बोवाळ करप, झगडीं करप, भायल्या लोकांक घरांतल्यो गजाली सांगप असो तिचो सभाव नाशिल्लो. सत्या भाटांत रावपाक वतकूच दुसऱ्या दिसा वेंकटेश भाटांत गेलो. भाटाच्या उजव्या कोनशाक सत्या हातांत कोयती घेवन वंयेची नितळसाण करतालें. आनी थंयचे कांटेय काडटालें.

‘तूं कित्याक हें काम करता?’ वेंकटेशान म्हणलें.

‘पळय, भाटाची वंय पळय कशी जाल्या ती. मदीं मदीं बुराक पडल्यात. भायलेवटेच्यान थोडीं नवीं कांटयाळीं लावपाक जाय.’

‘पूण तूं हीं कामां कित्याक करता? नोकर नात काय कितें?’

‘हांवूच करतलें म्हणटां. पळय, हांव हाचेफुडें बेंगळूरांत वचचें ना. तशें हांवें दुकानदाराक पत्रांतल्यान कळीत केलां. एक दीस वचून रुमाचें भाडें दिवन सामान घेवन येतां. हांगाच शेतांत काम करत रावपाचें अशें हांवें थारायलां.’

‘तुजी तकली सारकी ना दिसता.’ अशें वेंकटेशान म्हणलें. पूण सत्या कांयच उलयलें ना.

ताणेंच मुखार म्हणलें, ‘अप्पान मृत्यूपत्र केलां खंय.’

‘पांच-स दिसां पयलीं बेट्टय्यान सागंलें.’ अशें सत्यान म्हणलें.

‘आतां कितें म्हणटा? पळय, तूं काय म्हाका परकी न्हय. म्हूण सांगता. बापायली संपत म्हजेच भयणीक मेळ्ळी जाल्यार म्हाका ताचें मात लेगीत वायट दिसचें ना. आमीय दोगांय काय वेगळीं न्हय. म्हाका वायट दिसपासारकें अप्पान भितरले भितर अशें करपाक जायनाशिल्लें. तें जावं. आतां तूं सांग.

जमीन कसतलें काय लग्न जातलें? हांवें तेन्नाच सांगिल्लें तुका. वीस हजार खर्च आयल्यार लेगीत जाता. तुगेलें लग्न करतां म्हूण.'

तें कांयच उलयलें ना. वंयेचे उजवेवटेन आपल्या हातांत येता तितले कांटे कापून उडयले आनी तें सकयल देंवन सांगपाक लागलें. 'म्हाका लग्न जावपाची इत्सा ना. स्वता कश्ट करून काम करपाची म्हाका इत्सा आसा. हो म्हजो वांटो, तो तुजो वांटो हो दुस्वास म्हाका ना. ह्या भाटांत रावतां. ही खोंप आशिल्ल्या जाग्यार म्हाका ल्हानशेंच नळ्याचें घर बांदून दी. शेताक लागपी सामान खोरें, कुदळ, नांगर दवरपाक मेळटलें इतलें ल्हान आसल्यार लेगीत जाता. आनीक एक ल्हान रांदची कूड. आनीक कांय नाका, बाकीचो सगळो अधिकार तुकाच घे.'

सत्याचो दृश्टीकोण लक्षांत आयिल्ल्यान वेंकटेशाक मात्शें बरें दिसलें. पूण मन सामकें शांत जालें ना. घराकडेन येतना लेगीत ताचेविशीं विचार करत आशिल्लो. सेगीत तीन-चार दीस तो त्याच विचारांत आशिल्लो. निमाणें ताका एक उपाय सुचलो.

दुसऱ्या दिसा बायलेक घेवन ताणें विठलापूराक वचपाचें थारायलें. जयम्माक कुळारा गेल्यार देड वर्स जांवन गेल्लें. गुरवार जयम्माक चलो पोटार खोंट मारतलो म्हूण वेंकटेश चल्याक आपल्या म्हऱ्यांत न्हिदयतालो. नरसिंह पुरोयत भायल्या वारांदार न्हिदतालो. घोव-बायल भितरले ल्हान कुडींत न्हिदतालीं. पान खायत हातुणाचेर न्हिदत वेंकटेशान बायलेक म्हणलें. 'चलयांकूय बापायचे इस्टेटींतलो वांटो मेळपाचो कायदो आमगेल्या घरांतच न्हय, देशभर सगळेकडेन जाला.' दिवो पालोवन जयम्मालेगीत न्हिदली. 'हं' म्हणपाचें सोडल्यार आनीक कितें म्हणचें, सांगचें, तिका कळना जालें. वेंकटेशान .मुखार म्हणलें, 'एके नदरेन पळयल्यार हातूंत फायदोय ना आनी लुकसाणय ना. हांगासरल्यान गेलें जाल्यार थंयच्यान येता. आयकता न्हय?'

तिणें 'हं' म्हणलें. वेंकटेशान परतें म्हणलें, 'तुगेल्या भावांभितर वांटणी जाली ना. तातुंतलो आपल्यालो वांटो दी म्हूण सांग.'

आतां जयम्माक वेंकटेशाच्या उलोवण्याचो अर्थ कळ्ळो. तिणें म्हणलें, 'हें कसलें तुमगेलें उलोवप? तांणी चलयेक ल्हानाचें व्हड करून लग्न करून दिलें ना?'

'ताचोय हिशोब करूंया. पयलीं तू वांटणी माग' अशें म्हणून गाड न्हीद आयिल्लेवरी तो न्हिदलो. आतां जयम्माची न्हीद मात नाच्च जाली.

सकाळीं तीं विठलापूराक वच्चे पयलीं सत्यान येवन तांची भेट घेतली. तिरुमलापूरांतल्यान विठलापूराचें अंतर वीस मैलांचें आशिल्लें. धा वरांचेर भायर सरतकूच बारा वरांचेर विठलापूरांत पावलीं. केन्नाच चड येंवक नाशिल्ल्यान जांवयाचें अर्थअपुरबायेन स्वागत जालें तरी तागेलो अप्पा गेल्यार आजूनमेरेन म्हयनोय जावंक नाशिल्ल्यान तांणी चड देखावो केलो ना. त्या दिसा वेंकटेश थंयच रावलो. दुसऱ्या दिसा रातीं बायलेवांगडा स्वतंत्र कुडींत न्हिदिल्ल्या वेळार ताणें जयम्माक सांगलें, 'तुकाय इस्टेटींतलो वांटो दिवपाक जाय म्हूण हांगां येवचे पयलीं गांवांत सांगिल्लें. हांव सांगता तें सारकेंच आयकून घे. तुगेलो वांटो ते दिवचे नाजाल्यार तूंच हांगा राव. कळ्ळें?'

पयरचे रातीं वेंकटेशान म्हणिल्लें तिणें तितलें कानमनार घेवंक नाशिल्लें. आतां सांगिल्लें आयकून तिणें रडपाक सुरवात केली. पूण व्हडल्यान रडून, भायले कुडींत न्हिदिल्ल्या बापायक, भावांक हें रडप आयकूंक येवचें अशें तिच्या मनात नाशिल्लें. फांतोडमेरेन जयम्माक न्हीद लागली ना. सकाळीं उठून आपले कपडे पिशवेंत घालून, तांगेल्या कॉफीची, खाणांची वाट पळयनासतना, चल्याक उखलून तो कोणाक सांगनासतना बशीचे वाटेन चलपाक लागलो. पयली बस सात वरांचेर येताली. उठून तळ्याकडेन गेल्लो तागेलो दुसरो मेवणो वाटेर मेळ्ळो, 'हें कितें? इतले बेगीन वचपाक भायर सरले? चल्याकूय कित्याक घेवन आयले?' अशें म्हणटकीच वेंकटेशान ताका सांगलें, 'ताका म्हजीच चड संवकळ आसा. थंय म्हजी धाकली भयण पळयतली. हांवें जयाक सगळें सांगलां. तेप्रमाण तुमी करात.' कितें सांगलां ताची सारकी फोडणीशी करून सांगलें ना. पाच मिणटांनी बस आयली. 'जयाक सगळें सांगलां.' अशें परतें एक फावटी सांगून चल्याक घेवन बशींत चडलो.

गांवांत बस स्टँडार देंवतकूच आपणाल्या हॉटेलांत वचून ताणें चल्याक इडली खावोवन आपणेय पुरी-दोसा खावन घराकडेन गेलो. नरसिंह पुरोयत कुलप घालून देवळांत गेल्लो. वेंकटेश नीट तसोच वासूक घेवन भाटांत आयलो. एका नोकराचे मजतीन सत्या वंय बांदपाक मग्न जाल्लें. सत्या वंयेच्या भायलेवटेन रावन कांट्यांचीं झाडां वेंचून वयेंत घट बसयतालें. आनी नोकर ओल्या खाजूराच्या झाडाचे दोरे घेवन सारकीं वेवस्थीत घेवन भितरल्यान ओडून घट्ट बांदतालो. चल्याक पळोवन सत्यान विचारलें, 'तो थंयच रावतलो अशें जयम्मा म्हणटाली.'

'म्हाका सोडून रावना जालो म्हूण ताका हांव घेवन आयलों.' तागेल्या

आवयभाशेनूच वाटकुळेंच आनी भरीव तोंड. सामको सुंदर. इतल्या दिसांत आपणे ह्या सुंदर भुरग्याक धरलोच ना हाची सत्याक जाणविकाय जाली.

घरांत नरसिंह पुरोयतान रांदल्यार लेगीत वेंकटेश आनी वासू भाटांतूच आसताले. हालींसरा वासूचो सत्याचेर खूब मोग जडिल्लो. तो ताचे फाटल्यानूच आसतालो. खोंपीचे म्हऱ्यांत आशिल्लें कुंडात पडत हाचो भंय आशिल्लो. ते सोडले जाल्यार सत्याकूय ताचो व्हडलोसो त्रास जायनाशिल्लो. आवयभाशेन शांतसभावाचो आशिल्ल्यान तो तितलो हट (मस्ती) करनाशिल्लो. वेंकटेश म्हणटालो 'पळयलें, तुगेल्या भाच्यान कसो जीव लायला तुजेर?' सत्याक कसलें घर जाय, कशेतरेच्यो कुडी जाय. हाचेर तो चर्चा करतालो. 'जे करपाचें ते एकेच फावटी करपाचें सादे नळे नाकात. बरी मंगळूरी नळेच वापरूया.' असले सल्लेय तो दितालो. 'अंदू पावसान दांडी मारल्यांशी दिसता. कितेंय जांव हो पावसाळो सोपतकूच रोखडीच घर बांदपाची सुरवात करूया.' अशे आपल्या मनातलें वेंकटेशान उलोवन दाखयलें.

तिसऱ्या दिसा सकाळीं वासूक सत्या म्हऱ्यांत सोडून म्हणपाक लागलो, 'पळय, इतले दीस जाले एक फावट लेगीत आत्याची याद काडून रडलोना. पूण आयज सकाळीं मात उठ्ठनाच आकाची याद काडून रडपाक लागलो.' अशें म्हणून वेंकटेश हॉटेलाचेर गेलो. हालींसरा वेंकटेशान तांदळाचें पीठ, रवो सारकेले जिनस चडशेच हाडून दवरिल्ले. आनी कांय व्हडलीं आयदनांय हांगाच हाडून दवरिल्लीं. भुरग्याखातीर कितेंय खावपाक करचें म्हूण सत्यान चूल पेटयली. वासू दारांत बसून खेळटालो. पावणे धाच्या सुमाराक चार-पांच जाण खोंपीकडेन येवपाचो आवाज आयकलो. चल्यान 'अम्मा' म्हणलें. सत्यान भायर वचून पळयत जाल्यार जयम्मा, तिगेले दोगूय भाव, आवय-बापूय आयिल्ले. सगळ्यांचे चेहरे चिंतेस्त आशिल्ले. गुरवार जय्यम्माचे दोळे रडून रडून सुजिल्ले आनी तांबडे जाल्ले. हीं सगळीं अशीं आयल्यांत तें पळोवन सत्याक अजाप दिसलें. 'तुवेंच म्हजे चलयेचो संवसार वाचोवंक जाय' अशें म्हणत जय्यम्माचे आवयन सत्याचो हात धरून रडपाक सुरवात केली. आवयक पळयतकूच वासून आवय म्हऱ्यांत वचून वेंग मारली. ताका वेंगेत घेवन जय्यम्मान रडपाक सुरवात केली. सत्याक कांयच कळना जालें.

जाल्ली सगळी खबर जय्यम्मान सत्याच्या कानार घाली. सोयऱ्यांची घरची परिस्थिती सत्याक खबर आशिल्ली. पिळग्यांनी चलत आयिल्लें शानभोगकी पद सरकारान काडून घेतिल्लें. तेभायर दोनशीं माड, चार एकर शेत, एक बाग इतलो तांचो म्हालवज. जयम्मा निमाणें. एकलेंच चली. व्हडलो भाव अश्वत्थ. बी.ए.

पास जावन लेगीत नोकरी मेळूंक नाशिल्ली. दुसरो नागेश एस्.एस्.एल्.सी लेगीत पास जालो ना. तोय गांवांत रावतालो. एकूच वर्स जाल्लें अश्वत्थान गांवांत एक ल्हानशेंच दुकान घाल्लें. आनी तो चार पयशे कमायतालो. आर्थीक परिस्थिती सुदारलेबगर आपल्याक लग्न जावपाचें ना अशें ताणें थारायिल्लें. ताका तीस वर्सां वयर जावन गेल्लीं. असले परिस्थितींत तिसरो वांटो चलयेक दिल्यार तांची गत कितें जातली?

'हॉटेलांतूच आसतलो तो. तुमी तेवटेन पळयलेंना दिसता. वचून घेवन येयात.' अशें अश्वत्थाक सांगून सत्या तांकां सगळ्यांक उपीट करपाक गेलें. पूण सत्याकडेन तितलें व्हडलें आयदन नाशिल्लें. आशिल्ल्याच आयदनांत दोन फावटी करपाचें अशें येवजितना, 'बाय, तूं कांयच करनाका. आमी हांगा उदकाचो थेंबो लेगीत घेवचीं ना.' अशें शानभोग रामय्यान सत्याग्रह केल्लेवरी सांगून सोडलें. गुरवार भावजेन उपाशीं रावचें न्हय म्हूण सत्या भितरले भितर चुरचुरतालें.

वेंकटेश अश्वत्था वांगडा आयलो तेन्ना सत्यान विचारलें, 'कितें हें वेंकटेश?'

'कितें जालें?' कांयच खबरनाशिल्लेवरी ताणें विचारलें.

'काकूळट, तांचे असले परिस्थितींत तीं तुका कितें दितलीं? आपले आस्पती प्रमाण जाता तितलें दिवन तांणी बरेभाशेन लग्न करून दिलें. मागीर कुळारचे मानपान सगळे वेवस्थीत केले. चली बरी आसा, आवडली म्हूण तूं 'कांय दिलें नाजाल्यार जाता' म्हूण सांगून लग्नाक तयार जाल्लो न्हय?'

वेंकटेश ओग्गी बशिल्लो.

'म्हाका कसलेंच उत्पन्न नाशिल्लें. कपड्यांच्या दुकानांत काम करतालें तें पळोवन अप्पान हें वील् बरोवन दवरिल्लें. पूण तुका कितें कमी आसा? तुका पयशांची गरज आसा? तूं बरेभाशेन तर जोडटा?'

'हें पळय, कायदो म्हणल्यार कायदो. सगळ्यांक एकूच कायदो लावपाक जाय. एकेकल्याक एक कायदो आसपाक जायना. नाजाल्यार कोणाकूच आसपाक जायना. अर्थ कळ्ळो तुका?' वेंकटेशान म्हणलें.

'कितें सांगता तूं हें?' सत्यान म्हणलें.

'तकलेक ताप दिवंनाका. तुज्या हातांत जितलें आसा तितलेंच कर. म्हाका शाणपण शिकोवपाक येवंनाका.' वेंकटेशान म्हणलें.

सोयऱ्यांमुखार जाल्लो अपमान सत्याक सहन जालोना. तें उठलें आनी खोंपीत गेलें. दोळ्यांत दुकां येतात तीं कळटकूच सत्यान तांकां आडायलीं.

वेंकटेशाचो हेत कितें आसतलो हाचो विचार करपाक लागलें. तागेल्या उलोवण्याचो अर्थ कितें? 'कायदो म्हणल्यार कायदो. पूण सगळ्यांक लागू जावंक जाय. नाजाल्यार कोणाकूच आसपाक जायना. अर्थ लावन घे. तुज्या हातांत जितलें आसा तितलें कर.' म्हणल्यार अप्पान बरयिल्लें वील् म्हाका नाका म्हूण बरोवन दिल्यार हो प्रस्न सुटटलो काय? ह्याच उद्देशानूच तो अशें करता काय? काय बायलेकडल्यान कितें तरी वसूल करपाखातीर हो निर्णय घेतला? हीं सोयरीं म्हज्या म्हऱ्यांत कित्याक आयलीं? घराक कुलप घालां? थंय वचून मागीर आयल्यांत काय? भितरले कुडीक कुलप घालून नरसिंह पुरोयत देवळांत गेल्यार लेगीत घरांतलो नोकर गोठ्यांत कसलेंतरी काम करीत आसता. ताणें आजूनमेरेन दूद हाडून दिलें ना. हीं नीट हांगाच कित्याक आयलीं? हो विचार पुरायेन वेंकटेशाचो आसूं वो सोयऱ्यांचो आसूं दी. एकूण हांवें अप्पाचें वील् नाका म्हणल्यार सगळें जाग्यार पडटलें. म्हाका कित्याक जाय हें सगळें? हे जमनीची मालकी घेवन म्हाका कितें करपाचें आसा? बेंगळूरांत वचचें अशें ताका दिसूंक लागलें. पूण मातयेंत कश्ट करपाची इत्सा परती उचांबळ जाताली. जमीन वेंकटेशाची आसल्यार लेगीत हांव काम करपाक शकतां. तो ना म्हणचो ना. ताचो सभाव सत्याक खबर आशिल्लो. तागेले कपटी बुद्दीचीं पाळांमुळां खंयचे दिकेन खंय खंय रोमल्यांत म्हूण कोण जाणा? म्हज्या नांवावयलें ताका दिवन हांवें कित्याक तागेले जमनीचेर नोकरावरी कश्ट करपाक जाय. स्वताक हरिजन हें नांव दवरून घेतिल्ल्या म्हारा-मांगाची सत्याक याद जाली. स्वताची जमीन नासतना पाळेगार वो हेर जमीनदारांच्या जमनींचेर जीणभर कश्ट करतल्या शूद्रांची. हजारांनी वर्सांच्या इतिहासाची सत्याक याद जाली. हांव अशें शूद्र जावचें ना. म्हाका जाय तें स्वावलंबी शूद्रत्व, सत्यान मनांत म्हणलें.

भायर वेंकटेशाचीं आनी तागेल्या मावोडेच्या लोकांचीं उलोवणीं चलतालीं. सत्याक आनी एके गजालीची प्रकर्शान जाणविकाय जाली. ह्या देशांत हजारांनी वर्सांसावन बायलो शूद्रच जावन रावल्यात. ब्राह्मण, क्षत्रिय, वैश्यांच्यो बायलो लेगीत शूद्रच जाल्यात. हांकां वेदाधिकार ना, सिंहासनारोहणाचो अधिकार लेगीत ना. आनी संपत्तींत लेगीत अधिकार ना. बापूय, घोव आनी चल्याच्या चेपणाखाला तिणें रावंक जाय. वेदकाळांतल्या बायलांचें ब्राह्मणत्व उपरांतच्या काळांत नश्ट जावन गेलें. वेदकाळांत आशिल्लें शूद्रत्व आयज आसा ते अवस्थेंत नाशिल्लें. शूद्र म्हूण जल्मल्लो मनीस ब्राह्मण जावपाक शकतालो. भौजन समाजाक आनी सगळ्या बायलांक शूद्रत्वाचो

स्राप केन्नासावन त्रास दिवंक लागलो? हाका सुरवात केन्नासावन जाली? कशी जाली? होच खरो इतिहास! हेंच खरें जिवीताचे दर्शन. हें जाणून घेवंक जाय. अशें सत्यान मनातल्या मनांत म्हणलें.

आनीक एके गजालीची याद जावन सत्याचें आंग शिरशिरलें. उजव्या हाताचें बोट पोल्काचे खांचीत घालून आपल्या जानव्याक हात लावन पळयलें. अप्पान म्हाका इस्टेटींतलो वांटो दिला इतलेंच न्हय तर म्हाका यज्ञोपवित - जानवें घालून मंत्राधिकारूय दिला. तांणी हें पिशेंपणांत केलें आसतलें काय? तांकां खऱ्यांनीच पिशें लागिल्लें काय? सत्याचें लक्ष मुखार आशिल्ल्या हवनकुंडाकडेन गेलें. अप्पा मरतकीच हांवें ताचेकडेन दुर्लक्ष केल्लें. हातुंतलो अग्नी केन्नाच पालवचोना हाची जतनाय घेवपाखातीर तांणी म्हाका हो मंत्रोपदेश केल्लो न्हय?

भायर वेंकटेश सांगतालो, 'कायद्याप्रमाण तुमी तुमगेले चलयेक कितें दितात तें दियात. नाजाल्यार तुमीच जयम्माक दवरून घेयात आनी पोसात.'

'हें कसलें उलोवप तुमचें? लग्न जाल्ले चलयेक आमी घरांत दवरून घेवपाचें? आमी खर्च करून लग्न केलें ना! आठ हजार खर्च केल्यात आमी.'

'तांतूतलें म्हाका कितें मेळ्ळां? पक्कान्नां आनी धंयाचो रोस शिजोवन तुमी तुमगेल्या सोयऱ्या- दायऱ्यांक, तुमच्या गांवात वाडलां. तुमगेले चलयेक आनी म्हाका तातुंतले चार हजार मेळिल्ले जाल्यार माथ्यावयल्यान जाल्ले.' अशें वेंकटेशान म्हणलें.

'सगळे अशेंच करतात.'

'आतां कायदो बदल्ला. इस्टेटीचे तीन वांटे करात. चार हजार वजा करून उरिल्ले दियात. म्हाका तातुंतली एक दमडीलेगीत नाका. तुमगेलेच चलयेच्या नांवान ह्या गांवांत एक जमीन विकती घेवंया.'

चर्चा कितली वेळ तरी चालूच आशिल्ली. 'तुमगेली चली तुमगेल्याच घरा रावं दी.' हें वाक्य ताणें तीन फावटी म्हणलें. गुरवार जयम्मा हिमट्यो दिवन रडटाली. निमाणें अश्वत्थान आपल्या बापायक म्हणलें, 'अण्णा, आतां आनीक चर्चा करुंनाकात. आपले इस्टेटीचें वट्ट मोल कितलें जातलें हाचो हिशोब करात. तुमगेलो एक वांटो धरून चार वांटे करुंया. तातुंतले लग्नाचे चार हजार काडून जे उरतले ते जयम्माच्या नांवान दिवंया. आनी जयम्माकडल्यान बरोवन घेवंया.'

'पूण आतां पयशे खंयच्च्यान हाडटलो?'

'म्हजें दुकानातलें भांडवल काडटां. तुमी तिपटूरांतल्या खोबऱ्याच्या दुकानांतल्यान जाता तितलें रीण काडात. तेंय पावलें नाजाल्यार अम्माचे दागिने विकुंया.'

ते जमनीचें, इस्टेटीचें मोल करपाक लागले. वट्ट चाळीस हजार असो तांणी हिशोब केलो.

'तशें जाल्यार चाळीस हजार हांव तुमकां दितां. सगळी जमीन म्हज्या नांवार करशात? तुमगेल्या भाटाचें मोल कितलें जातलें हें म्हाका बेसबरें खबर आसा. एकशें एकतीस सर्वे नंबराचे शेताचें मोल कितलें जातलें?' अशें वेंकटेशान तांकां विचारलें.

तीस वर्सां शानभोगकी केल्ल्या रामय्यांक गांवातले प्रत्येक जमनीचो सर्वे नंबर, खातें नंबर, आकार सगळें तोंडपाठ आशिल्लें. पूण आपले मालकीचे जमनीपैकी एकाचो सर्वे नंबर सांगपी आपल्या जांवयाचे बुद्दीचीय तांकां कल्पना आयली. देंवतेर आशिल्ल्यान भाट चोरांक दिल्यार लेगीत स हजारांक वता. घर, ताचो फाटलो भाग, अशें करून वेंकटेश एकेकाचें परतें मोल करपाक लागलो. आनी म्हणपाक लागलो, 'नाय जाल्यार अयशीं हजारांपरस कमी जावची ना. मांवाचो वांटो वेगळो काडपाक जाता. तांच्या मरणाउपरांत तातुंतलो तिसरो वांटो चलयेकूय येवपाक जाय. आतां वीस हजार तरी मेळपाकूच जाय. तातुंतले चार हजार काडले जाल्यार सोळा हजार रोख दिवंक जाय.' रामय्याच्या काळजांत धडधडपाक लागलें. मांय वेंकटेशाचे पांय धरपाक आयली. व्हडलो अश्वत्थ म्हणपाक लागलो, 'जें जावपाचें आसा तें जावं दी. आमी चले आसतना तूं कित्याक पांय धरपाक वता? दिवया ताका पयशे. हांव लग्न जावंचोच ना.'

मांवान परतो हिशोब केलो. विनवणी केली. 'तुमी जाण्टे म्हणटकूच हांव तुमकां सांगतां. तुमगेल्या वांट्यांतलो जयम्माक परतो आनीक वांटो ना. सोळा हजार दियात आनी म्हगेलें जाग्यार घालात.' अशें म्हणून वेंकटेश उबो रावलो. आनीक एका म्हयन्याभितर पयशे दिवन कागदपत्र करपाचें अशें थारावन तेय उठले. पूण भितर बशिल्ल्या सत्याक हो अन्याय कसो दिसलो. हातूंत आपणे तोंड घाल्यार वेंकटेशाकडल्यान तापोवन घेवचें पडटलें आनी आपल्याकूय त्रासांत उडयतलो म्हूण तें ओग्गी रावलें. उलोवणीं सोंपतकूच तें भायर आयलें आनी म्हणलें, 'वरा भितर रांदप जातलें. तुमी जेवनूच वचात.'

ताचेर अश्वत्थान म्हणलें, 'हिका तुमच्या घरांत लग्न करून दिल्या. तिकाच कितें जाय तें दियात. आमी कोणूच ह्या घरातलें उदक लोगीत पिवचे नात.'

'तशें म्हणपाक जायना.' - ताचे आवयन समाधानान सांगलें.

'तूं ओग्गी बस पळोवया' अश्वत्थ तिचेर आड्डलो.

## 6

त्याच दिसा सगळीं विठलपूरांत परतीं गेलीं. वेंकटेशान वासूक आवयवांगडा धाडून दिलो. हॉटेला कुशीनच घर बांदपा इतलो जागो आशिल्लो. ते बशींत बसून वतकूच रोखडीच वेंकटेशान जमनीची लांबी-रुंदी मापली. त्या जाग्यार दोन दुकानां येवपाक जाय. फाटलेवटेन गुदांव आसपाक जाय. वयल्या माळ्यार वट्ट आठ रूम बांदपाचे. परगांवच्यान येतल्या हायस्कुलांतल्या मास्तरांक जावं हॉस्पिटलांतल्या मनशांक भाड्यान दिवपाक मेळटले. हाचो सगळो अदमास काडलो. सोळा हजारांनी बांदपाक जावचें ना. वयर वीस हजार खर्च आयल्यार लेगीत जाता पूण रितो जागो तसोच दवरपाक जायना. बँकेत पयशे बेश्टेच दवरपाक जायनात. इन्कमटॅक्सवाले पयशे खंयच्यान आयले, म्हूण धरतात. हॉटेलांचे भाडें म्हणटकूच टॅक्साची कटकट सुरू जातली, असो ताणे परतो विचार केलो.

दुसऱ्या दिसा सत्या बेट्टटय्याच्या घराकडेन गेलें. अप्पाच्या मृत्यूपत्रांतलो तपशील जाणून घेवपाचे नदरेन तें थंय गेलें. सत्यान आपलो हेत सांगतकूच बेट्टटय्यान म्हणलें, 'हांव तुमचेवांगडा आयल्यार वेंकटेशाक कळटलें. सगळें बिनसतलें. नागावरी सभाव ताचो. तुमी एकल्योच कृष्णप्पा वकिलाक मेळून येयात.'

तें एकलेंच तावरेकेरेंत गेलें. फाटीं दोन फावटी कृष्णप्पा वकील खंयच्या तरी शेतकाराच्या कामाक लागून तिरुमलापूरांत आयिल्लो. तेन्ना तो दोनूय दीस सत्यागेर राविल्लो. तितलीच ताची वळख. पूण कृष्णप्पा सत्याकडेन विस्वासान उलयलो. आपलेपणाचे भावनेन उलयलो. घराकडेन येवपाचो आग्रो केलो. सब-रजिस्ट्रार ऑफिसांत वतना ताणें आपल्या कारकूनाक सत्यावांगडा धाडलो. सत्यान आपल्याक जाय तितलेंच त्या विलांतल्यान बरोवन काडलें. भाटाचे उदेंतेकडलें अर्द, म्हणल्यार आतां कुंड आसा तो जागो, खोंप आशिल्ल्या भागांतले देडशें माड म्हाका. शेतांतली तीन एकर, दुसऱ्या शेतांतली एक एकर, म्हाका घर बांदपाक धा हजार दिवन उरिल्ल्या पयशांतले दोगांकूय अर्दअर्द. म्हणल्यार बँकेंत कितले पयशे आसात ते पळोवपाक जाय. सत्या कारकूनाक बँकेत घेवन गेलें. थंय आपणाल्या वळखीच्या दोगां जाणांक

विचारलें. बँकेंत साडेपंचवीस हजार रुपया आशिल्ले. सत्याच मॅनेजराकडेन गेलें आनी सांगलें, म्हगेल्या बापायचें वीलू अशें आसा. ताका सगळे परिस्थितीची कल्पना करून दिली आनी विचारलें, 'पयशे काडपाक जाय जाल्यार कितें करपाचें?'

'तुगेल्या बापायलें डॅथ-सर्टिफिकेट आनी सब-रजिस्ट्राराची सय आशिल्ली मृत्यूपत्राची एक प्रत हाडून दिल्यार आमगेल्या हेड-ऑफिसांत बरोवन दिवन एका सप्तकांत ऑर्डर मेळोवन दितां. मागीर पयशे रोखडेच हातांत पडटले.'

वकिलांक नमस्कार करून सत्या गांवांत आयलें. बशींतल्यान देंवनाफुडें 'म्हजो भाव मेळ्ळ्यार ताका धाडून दी.' असो हॉटेलांत रकाद दवरून तें भाटांत गेलें. सांजवेळां वेंकटेश आयलो. सत्यान आपूण तावरेकेरेंत गेल्लें, अप्पाचो विलाचो तपशील असो आसा, बँकेच्च्या मॅनेजरान अशें सांगला, सगळें सांगलें. 'पळय, दोगांय एकठांय बसून हिशोब करुंया. म्हाका पयशे जाय.' सत्यान परतें सांगलें.

'कितले जाय? घे.' अशें म्हणून बोल्सांत हात घालो.

'तुगेले पयशे तूं कित्याक दिता? अप्पान बरोवन दवरल्यात तितलेच दिल्यार पुरो.'

तो गडबडलो. सत्याकडेन वाद घालपांत कांयच अर्थ ना अशें मनांतल्या मनात म्हणत ताणें सत्याक म्हणलें, 'बँकेतले पयशे हातांत पडसर कितें करतलें? तेमेरेन हे पयशे - हे शंबर-दोनशें रुपये दवर. पळय, अप्पान बरयलां तितलेच पयशे दिवन हात फाफुडपी भाव न्हय हांव! तुका पयशे पावले नाजाल्यार वयर लागता तितले पयशे दिवपाची जापसालदारकी म्हजी. हांगा एक घर बांदतलें म्हणटालें न्हय तूं?'

'हय.'

'बांदून घेवया. हें पळय, भाटामदेकांत वंय घालपाक नाका. भाव आनी भयण वेगळीं जाल्यांत म्हूण गांवातले लोक नांवां दवरतले. हे मदले पट्टेकडेन बराबर अर्दें भाट जाता. ते वटेन देडशें माड. हेवटेन देडशें माड. हेवटेनचे नाल्ल तूं वीक. तेवटेनचे म्हाका दवर.' अशें वेंकटेशान म्हणलें.

तें ओग्गी रावलें. 'बँकेतले पयशे येसर हे पयशे तुजेकडेन दवर.' अशें म्हणून धा रुपयांचो पंदरा नोटी मेजून ताचे मुखार दवरल्यो आनी 'घरांतलें केन्नाय कितेंय जाय जाल्यार घेवन वच.' अशें सांगून वेंकटेश थंयच्यान गेलो.

भावाच्या उदारपणाचो अर्थ सत्याक समजलो ना. तागेलो भयणीचेर मोग ना अशें काय ना. पूण वेव्हाराचे बाबतींत आपणें जागृत आसपाक जाय अशें

सत्याक दिसलें. तो म्हणटा तशी वंय घालपाक नाका. पूण सगळीं कागदपत्रां मात जागरूकतायेन करपाक जाय. तशेंच अप्पान केल्ल्या विलाभशेन शानभोगाकडेन ताची नोंदणी करून रिसीट आपल्याकडेन दवरपाक जाय. शेत पिकोवप, नाल्ल विकप सगळें ताकाच करूंक दिवपाचें. एकठांय रावया. घराची यजमानकी ताचेकडेन आसपाक जाय.

## 7

दुसऱ्या दिसा सांजवेळां सत्याक खंयतरी भोंवन येवचेशें दिसलें. देवळाकडल्यान व्हाळाचे धडेवयल्यान चलत तळेबांदाचेर चडलें. मात्शें मुखार चलत वतकूच अप्पा उदकांत पडिल्लो जागो आयलो. मात्सोवेळ तें थंयच उबें रावलें. मागीर व्हाळाचे दुसरेवटेन गेलें. फाटोफाट बेट्टय्याचें चली मीरा येतालें. सत्याकडेन उलोवपाची इत्सा आसली तरी तागेल्या चेहऱ्याचेर मुरवत दिसताली. 'नमस्ते' अशें म्हणून जाप दितकूच सत्यानूच ताका म्हणलें, 'शाळेंतल्यान येतात काय कितें?'

'हय'

'कशें दिसता शाळेचें वातावरण?'

मीरा कांयच उलयनासतना फकत हांसलें.

'दनपारच्या जेवणाचें कितें करतात तुमी?'

'घराकडल्यान घेवन वतां.'

दोगांय बराबर पावलां घालूंक लागलीं. मीरान लजेवन म्हणलें, 'तुमी म्हजेकडेन भौवचनान उलोवपाक जायना.'

'कित्याक?' सत्यान अजापान आनी उमेदीन मीराकडेन वळून पळयलें. आपलेपरस चडांतचड एक- दोन वर्सांनी ल्हान आसा हें इतलेंच. पूण आंगान बरें वाडिल्लें. चेहऱ्याचेर आत्मविस्वास आनी दोळ्यांत चमक दिसताली.

'बरें दिसना तें! कशेंतरी दिसता!' मीरान म्हणलें.

'कांय हरकत ना. तूंय म्हाका एकवचनान उलो मार -' सत्यान म्हणलें.

'नाका.'

सत्यान चड आग्रो केलो ना. दोगांय वांगडाच चलूंक लागलीं. मीराक ताचेकडेन उलोवपाक एकतरेची लज दिसताली. पूण तेचबराबर सत्यावांगडा चलत वता ती उमेदूय मीराचे चेहऱ्याचेर दिसताली.

सत्यान विचारलें 'आमी शिकतना मिडल-स्कुलांत आसतना चलयांक मारताले. आताय तुमी चलयांक मारतात?'

'हेर मास्तर मारतात.'

'आनी तूं? गांधीजींची भक्त काय कितें?'

'हांव भुरग्यांक कशें आफुडटलें?'

हातूंत अजाप जावपाचें कांय नाशिल्लें. पूण इतली सादी गजाल सत्याच्या लक्षांत येवंक नाशिल्ली. सत्यान विचारलें, 'मागीर भुरग्यांचो चोपड्यो कशो तपासता?'

'भुरगीं पयसुल्ल्यान आपल्यो चोपड्यो मेजाचेर दवरतात. हांवें तपासून परत्यो मेजाचेर दवरतकूच तशोच पयसुल्ल्यान बागोवन घेवन वतात.'

'हेर मास्तर कशे आसात?'

'हांव एकलीच बायल. हेर सगळे दादलेच.'

'मदले सुटयेंत कॉफी जाय जाल्यार?'

'म्हजो एक वेगळोच कांचेचो पेलो हांवें दवरला. शाळेचो शिपाय तुमगेल्या हॉटेलांतल्यान हाडून त्या पेल्यांत ओतयता.'

'तू ओग्गी कित्याक रावता? झगडपाक जाय.'

'कित्याखातीर झगडूं? कोण आयकतलो?'

सत्यान गंभिरतायेन विचार करपाक सुरवात केली. आनीक कितलीं वर्सां लागतलीं हें सोंपपाक? सोंपतले काय शूद्रत्वाचें हें पर्यायी रूप एक दोन जातींचेर सासणाचें उरतलें? सत्याक याद जाली. मीराच्या बापायन बेट्टय्यानूच ह्यो पोन्न्यो पद्धती मान्य करून घेतल्यात दिसता. आतां सगळे नदरेन तांची परिस्थिती बरी आसा. पूण तरीलेगीत पोन्न्या पद्धतींकडेन आजूनमेरेन दसून रावल्यात. आनी ती मान्नूय करून घेतल्या.

सत्या मीरावांगडा हरिजन कॉलनींत गेलें आनी तागेल्या घराकडेनूय गेलें. मीराची आवय सुंकव्वालेगीत खांब्याकडेन उबी रावन सत्याकडेन उलोवपाक लागली. सत्यान मीराक विचारलें, 'मीरा, तुका एस् एस् एल् सी त खंयचो क्लास मेळिल्लो?'

'फस्ट क्लास मेळपाक वीस मार्क कमी पडले.'

'कॉलेजींत कित्याक गेलें ना?'

'म्हाका वचपाक जाय आशिल्लें. अप्पानूच नाका म्हणलें.'

'आतां कित्याक वचना? कॉलेज सुरू जाल्यार फकत पंदरा दीस जाल्यात दिसता. बेगीन अर्ज कर.'

पूण तागेले आवयन म्हणलें. 'इतलें शिकलें तरीकूय न्हवरो मेळ्ळो ना. कॉलेज-बिलेज कांय नाका सायबिणी.'

'न्हवऱ्याची गजाल वेगळी. तुका शिकपाची इत्सा आसा काय ना?' अशें सत्यान मीराक विचारलें.

'इत्सा आसा.'

'हांव तुगेल्या अप्पाक सांगतां राव.'

बेट्टय्या घराकडेन येसर सत्या थंयच बसून रावलें. शिक्षणाबगर तांची जात मुखार येवची ना. बायलो शिकले बगर खंयचेय जातींत सुधारणा जावची ना. अशें म्हणटकूच बेट्टय्यान म्हणलें, 'हय, महात्मा गांधीन लेगीत तेंच सांगिल्लें.'

'तशें जाल्यार तुमी तुमगेले चलयेक कित्याक मुखार शिकयनात?' अशें म्हणटकूच तो निरुत्तर जालो.

त्या दिसा सत्या खूब वेळ ताचेकडेन उलयलें. दुसऱ्या दिसा सकाळीं लेगीत ताका मेळ्ळें. हाचो परिणाम जावन मीरान शाळेंतली नोकरी सोडली आनी ताणें बेंगळूरांतले महाराणी कॉलेजींत नांव घालें. आनी थंय वचपाक लागलें.



# इकरा

## 1

हालींसराच लग्न जाल्लो श्रीनिवास बायलेचेर खूब मोग करतालो. रुपान नर्गिसावरी आसली तरी आंगलोट मात्सो बारीक आशिल्लो. तिचो रंग तर सामको गोरोच आशिल्लो. मंड्यात डिग्री कॉलेज म्हणल्यार बी.ए., बी.एस्सी. नाशिल्ल्यान ती इंटरमिजियेटमेरेन शिकिल्ली. गांवात आयिल्ले सगळे सिनेमा तिणें पळयिल्ले. कन्नडांतल्यो सगळ्यो कथा आनी कादंबऱ्यो तिणें वाचून काडिल्ल्यो. शब्द वापरपाची पद्धत, वाक्यरचना आनी उच्चाराचे बाबतींत तिगेली भास गांवातल्या ब्राह्मणांवरीच आशिल्ली. सोदपाक गेल्यार लेगीत तातूंत चूक मेळनाशिल्ली. लग्न जावन कांय दिसांनी घोव- बायलेमदीं मात्शी उलोवपाची संवकळ जातकीच ती श्रीनिवासाचे भाशेची ‘खेडवळ भास’ म्हूण फकाणां करपाक लागिल्ली. तो मागीर उलयतना लक्ष दिवन आपली भास सुदारपाचो येत्न करतालो. खंयचें जाय तें सिनेमाचें पद वीणेचेर वाजोवन ती म्हणटाली. लता मंगेशकरावरीच ती गायताली.

तिगेलें घरलेगीत तशेंच आशिल्लें. अलिशान बंगलो. रेडियो, रेफ्रीजरेटर, सोफासेट आनी स्प्रींगाच्यो खाटी. घरांत ब्राह्मण रांदपी आशिल्ले. चंदनाचो देवारो आनी मंटपाची देवाकूड. आपलो तिरुमलापूरांतलो पाळेगाराचो वाडो आसलो तरी असो शारांतलो नेट नाशिल्लो. थंयच्या ब्राह्मणाच्या घरांत लेगीत नासतलें इतलें वेवस्थीत तांचें घर आशिल्लें. श्रीनिवासाक हाची सामकी जाणविकाय आशिल्ली. हें सगळें तो आपलेआपूण मनांत घोळयतालो.

लग्नूय तशेच पद्धतीन जाल्लें. मंत्र-तंत्र लेगीत ब्राह्मणावरीच. ब्राह्मणावरी वरदक्षिणाय आयिल्ली. रोख रक्कम न्हय-शॅवर्ले कार, ओमेगा कंपनीची हाताची घडयाळ, ताका भांगराचो पटो. वुलनचो किंमती सूट. जरीकांटाचे पुडव्याचे पार, जरी-फेटो, मागीर श्रीनिवासाच्या नांवार चार मोटार लायन्स लेगीत मेळ्ळ्यो. बशी घेवपाखातीर बापायन पयशे दिल्ले. तातुंतल्यो दोन नव्यो बशी. आनी दोन तागेल्या मांवान घेवन दिल्ल्यो सेकेंड हँड पूण बऱ्यो आशिल्ल्यो. बस लायनी आनी त्योवूय गांवातल्यो. ह्या वेव्हाराचेर लक्ष दिवपाची ताका

संवय ना म्हूण मावोडेच्या लोकांनीच एका सोयऱ्याक धाडिल्लो. तो तुमकूरांत रावन ह्या सगळ्या वेव्हाराची पळोवणी करतालो. लॉरीच्या येरादारीचेरूय ताचेंच लक्ष आशिल्ले. पयशांचो पावसूच पडटालो. श्रीनिवास बेंगळूरात रावन मोटारीन मदींमदीं तुमकूरांत वचून येतालो. बायलेवांगडा मंड्याक वचून येतालो. नंदीबेट्ट आनी कन्नंबाडीकूय वतालो.

हालींसरा तोय देवभक्त जाल्लो. दैववादी जाल्लो. आमी कितेंय म्हणलें जाल्यारय आमचेपरस वयली एक शक्त आसा आनी तीच घरच्या दैवताच्या रूपांत दिसता, ह्या दैवताचो धिक्कार करतलो केन्नाच सुखी जावंक शकचो ना. हाचेर ताचो हालींसरा विस्वास चड बशिल्लो. तागेली बायलूय - कुमुदिनी देवभक्तीचेर खूब विस्वास दवरताली.

कुळारा लग्नापयलीं ती श्रीरामाची पूजा करताली. आतां तिरुमलपूरांतल्या श्रीनिवासाची पूजा लेगीत तितलेच श्रद्धेन करताली. सकाळीं उठून न्हावन जातकूच, अर्दवर देवाची पूजा केलेबगर ती देवघरांतल्यान भायर येनाशिल्ली. बेंगळूरांतल्या मंत्र्याचे घरांतली एक कूड तिणें आपले पूजेखातीर वेगळीच दवरिल्ली. कुळारच्यान हाडिल्लें पुजेचें सामान तिणें वेवस्थीत तेच कुडींत मांडून दवरिल्लें. एक ब्राह्मण पुजेचें काम पळोवपाखातीर दवरपाची तिची खूब इत्सा आशिल्ली. पूण ताका मांवान न्हयकार दिलो. तेखातीर ती स्वता भजन आनी भक्ती गितां गावन पूजा करताली. सून पदां म्हणून पुजा करता ती पळोवन रंगम्मा खूब खोशी जाताली. ह्या वयांत आपूण हें सगळें शिकपाक शकचीना म्हूण ती सुनेची पूजा सोंपतकूच बागोवन देवाक नमस्कार करताली. आपली सांगणी आनी कुळदेव तिरुमल श्रीनिवासाची नदर आमचेर पडिल्ल्यान सून लग्न जावन दोन म्हयन्यांनीच गुरवार जाली हाचेर रंगम्माचो पुराय विस्वास आशिल्लो.

कुमुदिनीकडेन लग्न जायत सावन एकूय दीस श्रीनिवास एकलो रावलो ना. तिचेबराबर तोय तिगेल्या कुळारा वतालो. थंय तिचेवांगडा रावतालो. तिका तीन म्हयने जाले तेन्ना तिगेल्या बापायन आपली चली पंदरा दीस तरी कुळारा रावची अशी इत्सा उक्तायली. पंदरा दीस जांवयान मावोड्या रावप समा न्हय म्हूण बापायन ताका सुचयलें, 'तू हांगाच राव नाजाल्यार तुमकूरांत रावन धंद्याकडेन लक्ष दी.' श्रीनिवासाकूय लज जाली. मदींच मेळपाक येवपाचें आनी सदांच पत्र बरोवपाचें एकामेकांक उतर दितकूच, कुमुदिनी आपल्या बापायवांगडा कुळारा गेली. उतर दिल्लेप्रमाण कुमुदिनी सदांच पत्र बरयताली. खंयच्याय सिनेमात लेगीत नायिका बरोवची ना, इतलीं सोबीत पत्रां ती बरयताली. कथा-कादंबरींत लेगीत अशी भाशा नासतली. पत्राची जाप

दिवपाखातीर श्रीनिवासूय पत्र बरोवंक बसतालो. पूण ताका तितलें जमनाशिल्लें. ती कन्नडांतल्यान इतलें बरें पत्र बरयता जाल्यार हांवें इंग्लिशींतल्यान ताची जाप धाडपाक जाता. तिका तितली बरी इंग्लीश येनाशिल्ल्यान कशेंय बरयल्यार तिका आवडटलें असो विचार करून ताणें इंग्लीशींतल्यान व्हडलें पत्र बरयलें. पत्र बरयतना सुरवेक 'म्हजो तुजेर खूब मोग आसा. तूं नासल्यार म्हाका सर्ग लेगीत नाका.' अशें खूब कितें बरोवन पत्र पोस्टांत उडयतकूच ताका अकस्मात सत्याची याद जाली.

बेंगळूरांत आसा तें. त्याच कपड्याच्या दुकानांत काम करता. नाजाल्यार दुसरी खंयचीय नोकरी धरल्यार तें त्याच रूमांत रावता आसतलें. चवकशी केल्यार पत्तो कळपाक कायंच कठिणाय ना. सत्याक वचून मेळचें अशें ताका प्रकर्शान दिसपाक लागलें. एक दीस चिक्कपेटेंतल्या दुकानामेरेन वचून आयलो. पूण, 'आतां कित्याक आयला?' अशें ताणें विचारल्यार कितें जाप दिवपाची, अशें येवजून तो परतो आयलो. त्या दिसा दनपारच्या पोस्टांतल्यान कुमुदिनीचें पत्र आयलें. फोडून वाचतकूच तें सगळें अर्थ नाशिल्लें निरस कशें ताका दिसूंक लागलें. सत्यान अशें केन्नाच पत्र बरोवंक नाशिल्लें. केन्नाच मोगान उलोवंक नाशिल्लें. सिनेमांत दाखयतात तशें वृंदावन बागेंतल्या कारंज्यामुखार म्हज्या हातांत हात घालून केन्नाच भोंवक नाशिल्लें. पूण तरीय सत्याची याद येता. श्रीनिवासाक सत्याचे यादीमुखार कुमुदिनी चित्रांतली बावली कशी दिसपाक लागली.

कशेंय करून, सत्याक मेळपाक जाय, ताचेकडेन उलोवपाक जाय अशें दिसलें. एक दीस धिटायेन श्रीनिवासान दुकानाचेर फोन केलो. आनी म्हणलें, 'मीस् सत्यभामा आसल्यार ताका आपयतात?'

सत्यान फोन घेतलो आनी विचारलें 'कोण उलयता?'

'हांव'

'म्हणल्यार कोण तुमी?' अशें सत्यान विचारलें. म्हणल्यार सत्याची जाप कितें म्हणटा ती सुरवातेकूच कळ्ळी अशें म्हणून श्रीनिवासान फोन सकयल दवरलो. वरभरांत ताका याद जाली. म्हजो आवाज तें वळखता. पूण फोनाचेर आवाजाची वळख पटूंक नाशिल्ल्यान ताणें तशें विचारलें आसतलें. सत्यान केन्नाच फोनाचेर म्हजो आवाज आयकूंक नाशिल्लो. म्हजेंच चुकलें. परतो फोन करचो दिसलो, पूण वळख पट्टकूच लेगीत सत्यान 'कोण तुमी?' म्हणल्यार कितें करपाचें ह्या भंयान ताणें फोन करपाचो विचार मनांतल्यान काडून उडयलो.

त्याच सांजवेळच्यान श्रीनिवास सत्याचो द्वेश करपाक लागलो. अशें कितें खास आसा सत्याभितर? रूप, रंग, आकार, आंगलोट? कसलें इतलें आकर्शण? वांगडा शिकलीं. मनांत तशें आयलें. पूण तशें घडूंक पावलें ना. सोंपलें. इतलेखातीर हांवें कित्याक पिसो जावपाक जाय? ताणें मनांतल्या मनांत आपणाक समजायलो. सांजवेळा पोस्टांतल्यान कुमुदिनीचें आनीक एक पत्र आयलें. 'तीन दीस जाले तरी तुमचेकडल्यान पत्र आयलें ना. म्हाका इतले बेगीन विसरले? विरहाचें दुख्ख उक्तावपाक म्हजेकडेन शब्द नात.' अशें बरोवन तिणें मुखार तीन पानांचें पत्र बरयिल्लें. ताणें पत्र दोन फावटी वाचलें. पूण त्या पत्राची जाप दिली ना. सत्यांत अशें कितें आसा विशेश? - ह्या प्रस्नाची जाप सोदपाखातीर एकसारको येत्न करपाक लागलो. तीन दीस जाले कुमुदिनीचें पत्र आयलें ना. रागान ओग्गी बसल्या आसतली म्हूण ताचेर चड विचार केलो ना. सत्याचें आकर्शण मात वाडतूच आशिल्लें. तिसऱ्या दिसा श्रीनिवासाक ताची जापूय मेळ्ळी. बुदवंत, एम.ए मेरेन शिक्षण घेतलां हाचेंच आपल्याक आकर्शण दिसता अशें न्हय. तर सत्या ब्राह्मणाची चली, आपलेपरस वयले जातीची चली ही भावना ल्हानपणांतसावन आशिल्ली. पयसो, अधिकार असल्या संपन्न घरांत हांव जल्मलों तरी हुशार आनी उंच जातीचे चलयेकडेन आपली इश्टागत आसा हाचो ताका अभिमान दिसतालो. आतां हें सगळें याद जातना ताका दिसलें, इतलेंच हाचें रहस्य?

सत्या ब्राह्मणाची चली जाल्यार कितें जालें? कुमुदिनीपरस कितें चड आसा ताचेभितर? रुप, रंग, शक्त, नटप-तोखेवप, दादल्याक तृप्त करप - कुमुदिनी कित्यांतूच कमी ना. हुशारूय आसा. मागीर ही तळमळ कित्याखातीर?

वयले जातींतले चलयेकडेन लग्न जावपाची इत्सा जण एकल्याच्या मनांत आसता. पूण सत्या स्वताक वयले जातीतलें मानिना. म्हूणच हांव ताचेर मोग करूंक लागलों. पूण हो फरकूच तें मानिना जाल्यार ताचेभितर विंगड ब्राह्मणत्वाचें वैशिश्ट्य तरी कितें आसा? पूण सत्या मानिना जाल्यार लेगीत तें ब्राह्मणूच आसा. ताचेकडेनूच लग्न जावपाक जाय आशिल्लें. पूण देवामुखार उबो रावतकूच ते पातक दिशिल्लें. पातक करपाक लेगीत आकर्शण कित्याक आसता? पातक करपाखातीरूच देव आमकां जल्माक घालता काय? पातक करपाचे इत्सेंत इतलें आकर्शण कित्याक आसता? - असो प्रस्न उप्रासलो. बी.ए. शिकतना शेक्सपियराचें मॅकबॅथ नाटक अभ्यासक्रमांत लायिल्लें. तें नाटक

शिकयतना प्राध्यापक शेक्सपियराचे पापकल्पनेविशीं वर्सभर जें सांगतालो ताची याद जाली.

एका सप्तकाभितर श्रीनिवासाक सगळें असह्य दिसपाक लागलें. वेळ पासार करप म्हणल्यार खूब कुस्तार जातालें. तेचबराबर विंगविंगड प्रस्न ताका सतायताले. एकलोच बसून रावपाक शक्य जायनाशिल्लें. खंयच्यातरी सिनेमाक वचनशें दिसतालें. खंयच्या थिएटरांत खंयचो खंयचो चित्रपट आयला हें ताणें त्या दिसाचें दिसाळें काडून पळयलें. आरे, बरो चित्रपट आयला, देवदास लागला. म्हाका खबरूच नाशिल्ली. मोटार घेवन तो सिनेमाक गेलो. पावणेतीन रुपयांचें तिकीट काडून भितर वचून बसलो. देवदास सिनेमा ताणें तीन वर्सांपयली पळयिल्लो. पूण त्यावेळार श्रीनिवासाचेर ह्या सिनेमाचो इतलो परिणाम जावंक नाशिल्लो. आतां मात सिनेमा पळयतना आपल्या जिवितांत कसलोच अर्थ उरलो ना अशें ताका दिसपाक लागलें. सिनेमा सोंपतकूच सांजवेळा कब्बनूपार्काकडेन वचून मोटार रस्त्याचे कुशीन आशिल्ल्या एका झाडापोंदा दवरली. तकलेंत विचार घोळत आशिल्ले. देवदासाची जीण अशी कित्याक जाली? चूक तागेलीच न्हय? पार्वतीबगर आनीक कोणाकडेनूच लग्न जावचो ना असो हट ताणें धरपाक जाय आशिल्लो. तिका घेवन कोलकताक पळून वचपाक जाय आशिल्लें. ती तयार नाशिल्ली जाल्यार? पार्वतीच्या जाग्यार सत्याचें पात्र मुखार येवपाक लागलें. हावूंच देवदास आशिल्लो जाल्यार, अशें म्हणून देवदासाच्या आवय-बापायचो खूब राग आयलो. ह्या जाणट्या मनशांखातीरूच ह्या जगांतलो मोग नाजावन गेला. तागेलो बापूय मागीर मरपाचो तो पयलींच मेल्यार बरें जातलें आशिल्लें. आपलो चलो सामको बेबदो जाला म्हूण जाण्टेल्याक खूब दुकां काडचीं पडलीं. ताका हाचेपरस चड ख्यास्त जावपाक जाय आशिल्ली.

त्या दिसा घराकडेन रातीं जेवंक बसल्यार लेगीत जेवपाची इत्सा जायना जाली. ताचो चेहरो पळोवन रंगम्मान विचारलें, ‘असो कित्याक बसला?’ हाचेर तो कांयच उलयलो ना. रातभर तो देवदासाचे विवंचनेत बुडून गेल्लो. सकाळीं उठ्ठकीच लेगीत ताचें मन थाऱ्यार नाशिल्लें. सगळो प्रपंचूच शून्याचेर आसा कसो दिसतालो. सत्याक आयजूच वचून मेळचेंशें श्रीनिवासाक दिसपाक लागलें. ताणें जर म्हणलें, ‘इतलो सुखांत आसा. तुका म्हजी कसली गरज?’ तेन्ना हांव कितें करतलों? मनाची जडसाण आनी शून्य भावना काडून उडोवपाखातीर एकाद्र्या बारांत वचून सोऱ्याचो आदार घेवचो अशें दिसपाक लागलें. सकाळीं धांच्या सुमाराक मोटार भायर काडून तो ब्रिगेड रस्त्यावयल्यान

गेलो. म्हैसूरांत शिकतना इश्टावांगडा ताणें सात-आठ फावटी बियर घेतिल्ली. हेर सोऱ्याचीं नांवां आयकल्लीं म्हणल्यार अणभव नाशिल्लो. मोटार भायर उबी करून एका बारांत गेलो आनी भितरल्या मोव कदेलाचेर बसलो. एकलोच येवन बसला तें पळोवन वेटरान म्हऱ्यांत येवन विचारलें. 'कितें जाय सर?' श्रीनिवासाक कितें सांगपाचे तें येवजलें ना. एकाद्रे हॉटेलांत वतकूच विचारतात तशें ताणें विचारलें, 'कितें कितें आसा?'

'सगळें आसा सर.' अशें ताणे म्हणलें.

आतां कितें तरी सांगपाक जाय म्हूण ताणें रोखडेंच येवजून सांगलें, 'व्हिस्की'. वेटर, सोडा, ग्लास, बाटली आनी ती उक्ती करपाचो ओपनर ताचे मुखार आशिल्ल्या मेजार मांडून गेलो.

बाटली हातांत घेवन श्रीनिवासान ताचेर बरयिल्ली सूचना वाचली. ही बियर न्हय. बेगीन चडपाचो सोरो. तोल वतलो. एकाद्रो बेशुद्ध जावनूय हांगा पडपाक शकता. गाडी चलयतना दुसऱ्या वाहनाचेर आपटून एकाद्रो मरपाक लेगीत शकता. असो ताका भंय दिसपाक लागलो. धा मिणटां हाचेर विचार करीत बशिल्लो. वेटरान परतें म्हऱ्यांत येवन विचारलें, 'कसली मिस्टेक आसा?'

'ही नाका. बियरची एक बाटली हाड.'

आपल्या मिश्यांभितरूच तिरस्कारान हांसून ताणें ती बाटली व्हरून बियराची बाटली हाडून दवरली. तीच सावकासायेन पिवन, कांय जावचें ना हे धिटायेन उठलो आनी तागेलें बील फारीक केलें. वेटराक एक रुपया टीप दिवन भायर येवन मोटारींत बसून मोटार चालोवंक लागलो. चलयतना मात्शें गरगरिल्लेवरी जातालें. वाटेर मोटार थांबोवन एका पानवाल्याकडल्यान ताणें लवंग-वेलची चडप्रमाणांत घाल्लीं दोन खावपाचीं मसाल्याचीं पानां घेतलीं आनी खालींय तोंडाचो वास गेल्ल्याची खात्री करून परती मोटार चलोवन घराकडेन आयलो. घराभितर सरतना कोण नाशिल्लो.

'हांव जेवचो ना. म्हाका उठोंवनाकात अशें आवयक सांग' अशें लग्न जातकूच नव्यान नेमणूक केल्ल्या नोकराक सांगून आपले कुडींत वचून न्हिदपाचें अशें ताणें थारायलें. तो कुडींत गेलो आनी ताका अजाप दिसलें. पळयल्यार थंय कुमुदिनी आपले सुटकेसींतल्यो साडयो आलमारींत दाळपाक मग्न आशिल्ली. तिका पळोवन श्रीनिवास सामको घामेलो. तसोच तो खाटीचेर वचून बसलो. कितें उलोवपाचें तें ताका कळ्ळेंना. तीय कांयच उलयली ना. पळोवन पळय नाशिल्लेवरी करून तीय ताचेकडेन उलयलीना. श्रीनिवासाकडेन फाट करून आपल्यो साड्यो सारक्यो लावपाक लागली. मात्सो वेळ - सुमार

धा मिणटां तोय तसोच बसून रावलो. आतां ताच्या दोळ्यांचेर झेम येवंक लागली. खाटीचेर घडी करून दवरिल्लो रग घेवन पेन्ट-शर्टाचेरूच न्हिदलो. कुमुदिनीन धा मिणटां वाट पळयली. पंदरा मिणटां वाट पळयली. इतल्यांत तिका रडूंक आयलें. लग्न जावन इतले दीस जाले तरी घोवान केन्नाच तिका अशी दुखोवंक नाशिल्ली. एक अक्षर उलयनासतना तो केन्नाच न्हिदूंक नाशिल्लो. कुडीचें दार बंद करून ती ताच्या म्हऱ्यांत आयली. आनी तोंडार ओडिल्लो रग ओडून काडलो. ताणें दोळे उक्ते केले.

'तुवें पत्र कित्याक बरयलें ना?' अशें तिणें विचारलें.

रोखडीच कितें जाप दिवपाची हें ताका येवजलें ना. तिणेंच मुखार म्हणलें, 'तुमी पत्र बरयलें ना म्हूण मन थंय रावपाक तयार जालें ना. तेखातीर उठून हांगा आयलें. म्हगेलो अप्पा लायसेन्सच्या कामानिमतान येवपाचोच आशिल्लो. तांचेबराबर आयलें. म्हाका पळोवन लेगीत कित्याक म्हजेकडेन उलयले ना?' अशें म्हणून व्हडान रडूंक लागली.

'बरें दिसनाशिल्लें.' अशें म्हणून आपलें तोंड उक्तें केलें.

तिका रोखडेंच कळ्ळें, 'तुमी पिल्यात.'

'फट.'

'म्हाका सगळें कळटा, बियर पिल्यात न्हय. वास येतलो आनी कळटलें म्हूण लवंग आनी वेलची घाल्लें पान खालां. खरे सांगात. म्हजो सोपूत आसा तुमकां.'

'फट.'

'हांव त्या वासाक वळखतां. म्हगेलो बापूय लेगीत पिता. तुमी पितात म्हूण म्हाका खबर नाशिल्लें.'

'आयजूच पयले खेप घेतल्या.'

'कित्याक तशें केलें तुमी?'

'बेजार आयिल्लो म्हूण'

तिगेल्या दोळ्यांत दुकां आयलीं. तेचबराबर तिका उमेदूय जाली. तागेलो हात धरलो आनी ताच्या हड्ड्यार तकली दवरून तिणें म्हणलें, 'हांव फक्त आठ दीस तुमचे वांगडा नाशिल्ल्यान इतलो बेजार आयलो? हाचे मुखार हांव केन्नाच हात लावचो ना असो सोपूत घेयात.' अशें म्हणून तिणें ताचो हात आपल्या हातांत घेतलो.

श्रीनिवासाक याद जाली. चंद्रमुखीलेगीत देवदासाक हेंच विचारता. तिगेलो कितलो मोग आसता ताचेर! दोनूय हाताच्या पोशांत घेवन पळयतना ताका

दिसलें, चंद्रमुखीचें काम वैजयंतीमाला बदला नर्गिसान करपाक जाय आशिल्लें.

'हाचे मुखार हांव केन्नाच पिवचो ना' अशें ताणें कुमुदिनीचो हात धरून म्हणलें.

## 2

चल्याच्या लग्नांत मेळिल्ली मोटार आनी सुटा-बुटाविशीं श्रीनिवासाच्या बापायक विशेश कांय दिसूंक नाशिल्लें. ताचे आतांचे परिस्थितींत लेगीत चार मोटारी विकत्यो घेवपाक सहजतायेन जातालें. पूण तसो खर्च करपाची ताका संवय नाशिल्ली. बशीची लायन ताणेंच सुरू केल्ली. नव्यो बशी आनी ट्रकांखातीर पयशेलेगीत ताणेंच दिल्ले. अशो लायनी सुरू करपाची सुचोवणी करप आनी सेकंडहँड बशी घेवन दिवप हाचें सगळें श्रेय तागेल्या मांवाक वतालें. आतां ताची देखरेख तेच पळयताले. ह्या धंद्यांत श्रीनिवास जितलें लक्ष घालपाक जाय तितलें तो घालना हेंय ताका खबर आशिल्लें. नव्यान लग्न जाला आनी चार दीस अपुरबायेचे वतकूच तो आपूण जावन धंद्याकडेन लक्ष घालतलो अशें ताका दिशिल्लें. सून सामकी बारीक आसा हें सोडलें जाल्यार लक्षण, रूप, रंग, वागप, तिगेलें ब्राह्मणावरी शुद्ध उलोवप हाचो ताका अभिमान दिसतालो. 'ते काळे तोंडाचे माकडिणीकडेन लग्न जावंक सोदतालो. बुद्द नाशिल्लो खंयचो.' अशें ताणें मनांतल्या मनांत म्हणलें.

लग्न जावन स म्हयने जाले तरी ते उपमंत्रीपदावयल्यान कॅबिनेट दर्जाचे मंत्री जावंक नाशिल्ले. हातूंत सोयऱ्यांची कसलीच चूक ना. केंपण्णाक तांच्या भागांतल्या चार आमदारांचो तेंको आसा. इतलो तेंको आसा म्हणटकूच ते सहजतायेन उपमंत्री जावंक शकताले. पूण तांकां तातूंत चडसो रस नाशिल्लो. कारखान्याचो कारभार पळोवप, मंडळाचें वांगडीपण, बस लायन्स, हातूंत तांकां उमेद आनी आवड खूब आशिल्ली. मंत्र्याक सात जाणांचो तेंको आसाच. तातूंत सोयऱ्यांचे आमदार धरल्यार इकरा आनी तातूंत आपूण एक. बारा आमदार म्हणल्यार एक कॅबिनेट मंत्री जावचो ना? मंत्रीमंडळ करपाच्या वेळार जो आंकडो आशिल्लो ताच्या आदाराचेर म्हाका आतांलेगीत उपमंत्रीपदाचेर दवरप म्हणल्यार कितलो व्हडलो अन्याय! फाटल्या चार म्हयन्यांसावन हेविशीं कितें नाजाल्यार कितें चलिल्लेंच आसता. मुख्यमंत्र्यांक दोगांकडल्यान ताणें तशो सुचोवण्यो लेगीत धाडिल्ल्यो. एकफावटी ते स्वता मुख्यमंत्र्याकडेन उलयिल्ले. ताणें न्हयकार दिवंक नाशिल्लो. खऱ्यांनीच जावंक जाय म्हणलें.

तांणी सांगिल्लें, 'आतां तुमगेलो दर्जो वाडोवपाक जाय जाल्यार आशिल्ले प्रांतांतले वेवस्थेंत बदल घडोवन हाडपाक जाय. आपलो इलाखो सोडून दिवपाक कोणूच तयार आसनात. तेखातीर नवोच इलाखो तयार करपाक जाय. हे फावटीची असेंब्लीची मिटींग सोंपूदी. मात्शे रावात. नाजाल्यार विरोधी पक्षांतले लोक ह्या मुद्यावयल्यान असेंब्लींत बोवाळ घालतले.' अशें तांणी आश्वासनय दिल्लें. आतां असेंब्ली सोंपल्यार लेगीत तांणी कसलीच वासपूस केली ना. आपूण कॅबिनेटमंत्री जाल्यार मुख्यमंत्री पदाखातीर स्पर्धा वाडटली आनी आपूण प्रतिस्पर्धी जातलों अशें कोणेय वचून सांगलां आसतलें. तरी लेगीत ताणें येत्न चालूच दवरिल्ले.

बेंगळूरांत चल्याच्या लग्नावेळार कपड्याच्या दुकानार वेंकटरमणय्याचे चलयेक पळयतकूच दोन- तीन दीस तेय अस्वस्थ आशिल्ले. ही चली हांगा कित्याक काम करता? कॉलेजींत प्रोफेसराची नोकरी करताली, आतां कपड्यांच्या दुकानांत कित्याक नोकरी करता? अशें ताणें चिंतलें. आनीक तीन दिसांनीं बेट्टय्याची भेट जाली तेन्ना ताचेकडेन ताणें सत्याचो विशय काडलो. बेट्टय्यान सांगलें, 'हांवूय ताका मेळपाक पयर सकाळीं गेल्लों. सगळी चवकशी केली तेन्ना सत्या शूद्राच्या चल्याकडेन लग्न जातलें ही गजाल कॉलेजींत सगळ्यांक कळ्ळी. तें ब्राह्मणाचें कॉलेज. आमचे जातीचो अपमान करता म्हूण सत्याक तांणी नोकरेवयल्यान काडून उडयलें खंय.'

मंत्र्यान हाचेर गंभीरतायेन विचार केलो. मागीर ताणें म्हणलें, 'पळयलें, ह्या जातींतल्या लोकांक कितलो अहंकार आसा तो. फकत आमीच वयर म्हूण दाखोवपाचें. ते चलयेक सांग. अमक्या कारणाखातीर म्हाका नोकरेवयल्यान काडून उडयलें म्हूण सरकाराक एक लेखी अर्ज करपाक लाय. ते कॉलेजींत दिता तें ग्रांटूच बंद करून उडयतां.' आनीक कितेंतरी येवजून ताणें म्हणलें, 'तें काम गेलें तागेलें. हाका कित्याक कपड्याच्या दुकानांत नोकरी करपाक जाय. हागेल्या बापायक इतली भीक लागल्या काय कितें?'

'तें गांवांत गेलें ना. आपली हांगा अशी परिस्थिती जाल्या अशें ताणें गांवात कळीत केलें ना.'

'सत्यान तशें बरोवन दिल्लें जाल्यार ते ब्राह्मण ताचे वाटेक वचचे नाशिल्ले. ते जातिची गूण तुमकां खबर ना. म्हाका खबर आशिल्लो म्हणुनूच हांवें ह्या लग्नाक विरोध केल्लो. पळयात, तुमीय आश्रमांत रावन आयल्यात. हांवूय थंयच आशिल्लो. महात्माजीन सांगिल्लें, सगळ्यांनी एक जावचें म्हूण. आमीय लेगीत

तेंच म्हणटात. पूण हे वयले जातींतले लोक आयकनात. तांचेखातीरूच ह्या समाजाचे कुडके कुडके जाल्यात.'

धा मिणटांनी परतो विचार करून ताणें म्हणलें, 'तांणी हलकी बुद्ध दाखयल्यार लेगीत आपणें तशें वागचें न्हय. आमी आश्रमांत रावन आयल्यात. ते चलयेक सांग, सरकारी कॉलेजींत जागो आसल्यार ॲप्लिकेशन घाल म्हूण. थंय नाजाल्यार एकाद्रे खाजगी कॉलेजींत हांव नोकरी मेळोवन दितां ताका कपड्याच्या दुकानांत कपडो कापपाक बसपापरस.'

'हांवें सत्याक तशेंच म्हणिल्लें. खंयूय विंगड काम आसल्यार म्हाका सांग. हांव ती नोकरी तुका मेळोवन दितां. त्या उतराक सत्यान म्हणलें, तुमी कशे दितले नोकरी? मेलगिरीगौडांक सांगूनच न्हय? म्हाका खंयचीच नोकरी नाका.' अशें सांगतकूच बेट्टय्याक दिसलें, हांवें हें सांगप न्हय आशिल्लें.

'मागीर आमी कितें करपाक शकतात? पूण हे ब्राह्मणाचे चलयेक अहंकार कितलो आसा तो पळय?'

हाचेर बेट्टय्या कांयच उलयलो ना. एका कानांतल्यान आयकून दुसऱ्या कानांतल्यान सोडून दिवपाचो ताचो सभाव. हें मंत्र्याक लेगीत खबर आसा. मागीर सात-आठ दीस मंत्र्याच्या मनांत ते ब्राह्मण चलयेच्या मस्तेपणाचो विसर पडूंक नाशिल्लो. राजकारणांत विरोधकांनीं विरोध करप हें ताका काय नवें नाशिल्लें. पूण हे चलयेकडल्यान अपमानीत जावप हाचें ताका खूब वायट दिसलें. पूण कितें करतलो? मूर्ख चली. अक्कल ना. म्हजें कितें वता? ताचेउपरांत मात ताणें तो विचार मनांतल्यान काडून उडयिल्लो. कोणेय आपूण जावन विशय काडल्यारूच ते उलयताले. इतलो विचार करपा इतलो वेळ तरी खंय आशिल्लो.

आतां तर ताका ताचो सामको विसर पडिल्लो. राजकारणांत सकाळीं उठनाफुडें अठ्ठावीस घडणुको घडतूच आसतात. आनी पोन्न्यो जावन वतात. तातुंतली ही एक घडणूक. आतां ताच्या मनांत एकूच प्रस्न आशिल्लो. तो म्हणल्यार आपणे कॅबिनेटमंत्री कसो जावपाचो? आनीक एका वर्सान परतून वेंचणूक जातली. आतां कॅबिनेट मंत्री जालो जाल्यारूच मुखावयल्या मंत्रिमंडळात सुवात मेळटली. मागीर एकाद्रो जागो मेळनासतना रावत. कॅबिनेटांत आसल्यारूच आयज ना फाल्यां मुख्यमंत्रीपदाचीं सपनां रंगोवपाक जातात. बारा जाणांचो तेंको मेळोवपाक जाय. पूण कसो? पूण नवो मनीस मेळोवपाक जाय जाल्यार ताका दुसऱ्याच्या बोल्सांतल्यान ओडून घेवपाक जाय. म्हणल्यार विरोधक रोखडोच गोमटी कापूंक उबो रावतलो. आनीक

तीन-चार भुरगीं आशिल्लीं जाल्यार बरें जातलें आशिल्लें. खूब शिकिल्लीं आनी फॉरेन रिटर्न्ड भुरगीं आसपाक जाय आशिल्लीं. योग्य जागो पळोवन संबंद जुळोवं येता आशिल्ले. एका लग्नाक चार आमदारांचो सपोर्ट जरी धरलो तरी तीन भुरग्यांचे बारा जाले. ते बारा आनी हे बारा म्हणल्यार चोवीस! सुरवेक तितलेच आसल्यार पुरो. मागीर तातूंत पद्दतशीर रितीन भर घालून मुख्यमंत्री जावप अशक्य न्हय. अशीं सपनां पळोवपाक तो लागलो. मागीर कांय वेळान जाग्यार आयलो. नाकाशिल्लें येवजून गणितां सोडोवपांत अर्थ ना. आतां आसा तातूंत कितें करपाचें, तें पळोवपाक जाय अशें म्हणून माथें खरपुवपाक लागलो. अकबरान राजपूत राजकन्यांकडेन लग्न जावन आपलो जनानखानो भरलो आनी तो इतलो व्हडलो सम्राट जालो खंय. पूण हें लोकसत्ताक राज्य म्हणल्यार - अशी इतिहासाची तुळा करतां करतां ताच्या तोंडातल्यान शेंवटून गाळी आयल्यो.

ह्याच काळांत गांवातल्यान आयिल्ले तांचे बायलेन - रंगम्मान एक दळदिरी बातमी हाडली. सुनेक सवो म्हयनो चलतालो. तिका बेगीन दीस वचचे म्हूण रंगम्मान गांवातल्या देवाक आंगवण केल्ली. लग्नाच्या दुसऱ्याच दिसा गर्भादानाचो कार्यक्रम जालो. मागीर दोन म्हयन्यानींच सून गुरवार जाली. पूण गांवांत वचून देवाक आंगवण पावोवपाक विसरली. बायल, चलो आनी गुरवार सून आंगवण पावोवपाक गांवात गेल्लीं. तिगांय मेळून व्हडल्या गौडावांगडा देवळांत वचपाक भायर सरिल्लीं. देवळाकडेन देवळाचो पुरोयत वेंकटरमणय्या मुखार आयलो आनी ताणें म्हणलें, 'हो गर्भ उरचो ना, हें बीं मूळ घेवचें ना. ही वाल बळची ना.' अशा स्रापाच्या उतरांचो खूब फावट उच्चार केलो. तो भ्रमांत आसता. आतां भाटांत खोंप बांदून रावता हेंय मंत्र्याच्या कानार पडिल्लें. आतां तर सामको पिसो जाला खंय. रंगम्मान सगळी गजाल घोवाच्या कानार घाली. आठ दिसांनीं गांवातल्यान आनीक एक खबर आयली. ती म्हणल्यार वेंकटरमणय्यान पोटाक फातोर बांदून तळ्यांत उडी मारिल्ली. तागेलो मांगवसतेंतल्या मातंगीकडेन खूब वर्सांपयली संबंद आशिल्लो खंय. आतांय ताका तिचेंच पिशें लागिल्लें खंय. मोहनदासान ताका देवळाकडेन मेळोवन घेवन ताचेकडेन वाद केलो खंय. मागीर अब्रूचो भंय दिसून ताणें जीव दिलो खंय. मोहनदासाचेर केस घालपाखातीर आपणालो बापूयच मुखार सरिल्लो, पूण वेंकटरमणय्याचे चलयेनूच 'तागेली कायंच चूक ना' अशें बरोवन दिलें म्हणपाचें ताका समजल्लें. त्यावेळार आपल्या भुरग्याक कायंच जावचें न्हय म्हूण बेट्टय्या ताचेलागीं आयिल्लो. गांवांत व्हडल्या गौडांक समजावन

ताचें समाधान करून मंत्र्यानच पुलीस इन्स्पेक्टराक योग्य त्यो सुचोवण्यो केल्यो.

ह्या पुरोयताक कित्याक इतल्या वर्सांनीं ते काळे मातंगीचे पिशें लागलें? तिचेकडेन अशें कितें आशिल्लें? पयलीं मंत्र्यानूय एका मांग बायलेकडेन संबंद दवरिल्ले. तें तागेल्या नोकरांक खबर आशिल्लें. तुमकूरांतल्यान भाटांतले घरांत ते रावंक आयल्यार हे सगळे नोकर थंयच्यान कूस मारताले. कोंड्या आळीचे कुशींतल्यान ती चोरून थंय येताली. ही मातंगी लेगीत तसलीच आसतली. हो ब्राह्मण तिच्या मोगांत पडलो. बायल मरतकूच दुसरें लग्न करून सुखांत रावंक जातालें. मोहनदासान ताचेकडेन जबरदस्ती केली. त्या मांगान ताका भेश्टायलो म्हूण त्या भिजूड ब्राह्मणान जीव कित्याक दिवंक जाय? सूख जाय पूण धिटाय ना. अशें म्हणून ओग्गी रावले.

ब्राह्मण आनी तेवूय कुलदेवाचे पुरोयत. म्हूण तागेल्या शापीत उतरांक रंगम्मा सामकी भियेल्ली. हेर ब्राह्मणांकडल्यान हाचेर कसलें तरी शास्त्र करचें असो तिणें हट धरलो. मंत्र्याक मात तातूंत इतलें भिवपासारकें कांयच दिसलें ना. कित्याक म्हणल्यार त्या ब्राह्मणाक पिशें लागिल्लें. येतल्या-वतल्याक तोंडांत येता तें उलोवप हेंच पिशाचें लक्षण. तेचवरी तशीच गुरवार बायल दिश्टी पडली म्हूण बीज, गर्भ असली उतरां वापरून नाशाचें कितेंतरी उलयलो. ताका कित्याक भिवपाक जाय? अशें तिका समजायल्यार लेगीत बायल आयकना जाली. मागीर मंत्र्यान म्हणलें, ‘बरें. एक-दोन ब्राह्मणांक आपोवन शास्त्र करूंया. दोन-चार पड धान्य, चार नाल्ल, दोन-चार रुपयांचो तर खर्च आसा, जावंदी.’

## 3

देवळांत वतकूच कुमुदिनीन मांयक विचारलें, ‘तो जाणटेलो कोण?’

रंगम्मान सांगलें, ‘ते ह्या देवाची पूजा करताले. आता तांकां पिशें लागलां.’

‘आनी तांचेवांगडा चली आशिल्ली ती कोण?’

‘तांगेली चली.’

‘तांणी तसो स्राप कित्याक दिलो?’

‘तकली थाऱ्यार ना तागेली. मुखार दिश्टी पडटा तांकां तो गाळी मारता.’

कुमुदिनी ओग्गी रावली. श्रीनिवास देवळाच्या एका खांब्याकडेन ओग्गी उबो आशिल्लो.. आदल्या दिसा गांवांतल्यान येतसावन तो गंभीर जाल्लो. ते

घडणुके उपरांत तो सामको बधीर जाल्लो. मांय रंगम्मा सुनेक परतें परतें सांगून तिचें समाधान करताली. पूण कुमुदिनी मात अस्वस्थ जाल्ली. मंगळारतीच्या वेळार कुमुदिनीची नदर देवाच्या लिखलिखपी मुकुटाकडेन आनी काळे मूर्तीचेर उठून दिसपी रुप्याच्या दोळ्याकडेन गेल्ली. त्या पिशा ब्राह्मणाचें उतर खरें जावचें न्हय म्हूण तिणें भक्तीभावान देवाक हात जोडले. श्रीनिवासूय देवाचे मूर्तीकडेन पळयतालो. ताचे हात-पाय मात्शे थरथरपाक लागिल्ले. भंय दिसपाक लागिल्लो. पूण भंय खंयच्या कारणाक लागून दिसता हें ताच्या लक्षांत आयलें ना. चांदीच्या तांबयांत भरून दिल्लें पंचामृत आनी ताटांत भरून दिल्लो प्रसाद घेवन सगळीं घराकडेन आयलीं.

श्रीनिवास जेवन आपले आपूण माळ्याचेर वचून न्हिदलो. रंगम्माक मेळपाक गांवांतली द्यावक्का आयिल्ली. घोवा फाटोफाट कुमुदिनीक वयर वचपाक लज दिसूंक लागली. ह्या ल्हान गांवात दिसा- उजवाडा घोवाच्या रुमांत वचुंनये इतलो समज तिका आशिल्लो. म्हूण रांदचे कुडींत बसून ती निंगम्माकडेन खबरो मारपाक लागली. देवळाकडेन घडिल्ली घडणूक तिणें निंगम्माक सांगली, आनी विचारलें, ‘तांणी म्हाका अशें म्हणलें. कित्याक म्हणलें आसतलें?’

‘तागेले चलयेकडेन लग्न जालो ना म्हूण तिडकलो आसतलो ब्राह्मण’ अशें म्हणटां म्हणटां तिणें आपली जीब चाबली.

‘कोण लग्न जालो ना?’ कांयच कळनाशिल्ल्यान कुमुदिनीन परतें विचारलें.

निंगम्मा कांयच उलयली ना. कुमुदिनीक दुबाव मारलो. तिणें परतें विचारलें. तिगेलो हात धरलो आनी म्हणलें, ‘आत्त्या. तुजो सोपूत, कोणाकूच हांव सांगची ना. खरें खरें कितें तें सांगात.’

इतली सुंदर, ब्राह्मणाचे चलयेवरी उलोवपी, गोरी, साकर कंपनीवाल्याची गिरेस्त घरांतली चली आपल्याक विचारता तें पळोवन निंगम्माचे मन सांगपाक तयार जालें. श्रीनिवास आनी पुरोयताचे चलयेची खबर ती सांगपाक लागली. मनाचेर ताबो दवरपाचो कितलोय येत्न केल्यार लेगीत कुमुदिनीक रडूंक येतालें. पूण निंगम्माचे मुखार रडचें न्हय म्हूण तिणें आपल्याक सावरून घेतलें. थोडेभितर सांगपाक गेल्ले निंगम्मान सगळोच तपशील कुमुदिनीच्या कानार घालो.

‘इतलो मोग आशिल्लो जाल्यार तिचेकडेन कित्याक लग्न केलें ना?’

‘तो लग्न जावपाक तयार आशिल्लो. पूण रंगम्मा, व्हडले गौडा, धाकटे गौडा, पुरोयताचो चलो वेंकटेश सगळ्या जाणांनी अशें करूनाका म्हूण सांगलें. म्हाका लग्नूच जावपाचें ना अशें म्हणून तो म्हैसूरांत गेल्लो.’

कुमुदिनीन मुखार कांयच विचारलें ना. सगळी विस्कटावणी जाल्ली. ते राती तांचो तिरुमलापूरांत राबितो आशिल्लो. श्रीनिवास रातच्या जेवणाचो वेळ जायसर रुमांतल्यान भायर येवंक नाशिल्लो. लग्नापयलींचे मोगिकेक पळोवन तो असो गंभीर जाला हें तिच्या लक्षांत आयलें. ती बेंगळूरात आसा खंय. हे तिका आतऱ्या-पयऱ्यान मेळटात आसतले. पूण ते एकले खंय आसतात? सदांच म्हजेवांगडाच आसतात. बस-ट्रकाचो हिशोब पळोवपाखातीर तुमकूरांत वतना लेगीत खूब वेळा हांव तांचेच वांगडा आसतां. हें सगळें येवजिल्यार लेगीत तिगेल्या मनांतलो दुबाव मात तसोच उरलो. रातीं न्हिदपाखातीर तो माळयेर गेलो. सोपणां चडपाक आपल्याच्यान जायना हाचें निमित्त्य सांगून ती सकयलूच न्हिदली. बायल वयर आयली ना म्हूण आकूळ-पिकूळ जावन ताणें सकयल पासयो मारल्यो नात.

सकाळीं तिगांय मोटारीन बेंगळूरांत गेलीं. लग्नांत दिल्ली शॉवर्ले घोवच चलयतालो. कुमुदिनी मांयचेवांगडा फाटल्या सिटाचेर बशिल्ली. ताणें हो बदल कित्याक केलो हाची चवकशी केली ना. मांयनूय तें बारिकसाणेन पळयलें ना. गुरवार सून. हात-पांय सोडून बसपाक मेकळीक मेळटा म्हूण फाटल्यान बसल्या आसतली असो तिणें विचार केलो.

गुरवार बायलांखातीर मुद्दाम तयार केल्लेवरी शॉवर्ले मोटार मातलेगीत हालिनासतना वताली. आयजमेरेन कुमुदिनी घोवाचेर कितलो मोग करताली. लग्नापयलीं कथा-कादंबऱ्यांत वाचिल्ल्या आनी सिनेमांत पळयिल्ल्या नायकाचो मोग आपले घोवामदीं एकठांय जाला अशें तिका दिसतालें. आपूण आठूच दिसांखातीर कुळारा वतकूच एकसुरेंपण सहन जायना जावन बियर पिल्ल्या आपल्या घोवावयलो मोग हे घडणुकेन कितले तरी पटीन वाडिल्लो. इतले दीस जो श्रीनिवास तिगेलो परम नायक आशिल्लो तोच आतां तिका फटवणूक केल्ल्या खलनायकावरी दिसूंक लागलो. ती गांवांतली नाशिल्ल्यान लग्नाच्या दिसा सांजवेळांच घोवावांगडा उलयिल्ली. लजेत लजेत कान सामके तांबडे करून ताणें सुरवेक विचारिल्लें 'तुमकां हें लग्न मान्य आशिल्लें?' 'तुमकांय मान्य आसल्यार हांव तृप्त जालें.' अशें कुमुदिनीन म्हणलें. कितलें योग्य वाक्य जुस्त फावो त्या वेळार याद जालें! अशें आसपाक जाय उलोवप. दुसऱ्या दिसा व्होंट भरपाचो कार्यक्रम जालो. ताचे जातींतले पद्दतीप्रमाण पोळ्यामेरेन बायलेन आवयगेर रावपाक जाय. हे परबेखातीर जांवय मावोड्या येता तेन्ना नव्या जोडप्यांक एकांत दितात. पूण तिच्या घरा सगळें ब्राह्मण पद्दतीन जातालें. लग्नाच्या दुसऱ्या दिसा ब्राह्मण बायलांक हळदीकुंकमाक आपयिल्ल्यो. त्या

दिसा ती माळयेर श्रीनिवासाक दिल्ल्या स्वतंत्र कुडींत वचून ताका कॉफी आनी खावंक दिवन येताली आनी तेभायर अर्दे अर्दे वर खबऱ्यो मारताली. आपल्या ताटांत तिणेंय जेवचें म्हूण ताणें तिचो हात धरून तसो आग्रोय केल्लो.

ब्राह्मणांभशेनूच, पूण तांचेपरस कितलेपटीन चड अपुरबायेन, माळयेवयली कूड सजयिल्ली. बरेपैकी खाट, रेशमी गादयो, उशीं बेंगळूरांतल्यान मागयिल्लीं. नागमंगल, बेळ्ळूर, कोडियाल, मंड्यातले नाटकाचे सेट सजोवपी वीरभद्राचारीक हे कुडीची सजावट करपाक आपयिल्ले. पुरोयतान मंत्र म्हणटकीच सवायशिणींनीं माळयेवयले ते खाटीचेर ह्या नव्या जोडप्याक बसयलें आनी तांकां आरत दाखयली. उपरांत ते कुडीचें व्हडलें दार ओडून घेवन सगळीं कुडीभायर गेलीं. जेन्ना तिणें मान वयर काडून भोंवतणीं पळयलें तेन्ना तिका अजाप दिसलें. तिची ती सदांची कूड ह्या वीरभद्राचारीन रति- भवन केल्ली. नाटकमळावयले आनी हेर मनशां ताका 'मय' म्हणटात तें खरेंच! कसलींतरी झाडां, वाली, फुलां-कारंजीं हांचीं बऱ्यातलीं बरीं चित्रां वण्टीचेर आकर्शक पद्दतीन लायिल्लीं. सकाळींच म्हैसूरच्यान शंबर रुपयांचीं मोगरे फुलां हाडिल्लीं तीं तिकाय खबर आशिल्लीं. खांबे, जनेलां, खाट सगळेकडेन विंगविंगड आकारांत तांच्यो माळो लायिल्लो.

श्रीनिवासान हातांत हात घेवन विचारिल्लें, 'म्हजेर तुजो खऱ्यांनीच मोग आसा कुमुद?'

हाचेर तिणेंय तितलेच भावनेन विचारिल्लें 'तुमगेल्या अखंड मोगाची स्वामिनी जावपाचें भाग्य म्हजें आसा व्हय?'

'अशें कित्याक विचारता' श्रीनिवासान विचारिल्लें.

'दासी याचना करता' अशे तिणें म्हणिल्लें. उलोवपाची शिटूकसाण ताका खंयच्यान येतली? आदल्या दोन दिसांच्या संभाषणावयल्यान तिणें तें जाणून घेतिल्लें. श्रीनिवासान आपल्या इतल्यो कथा-कादंबऱ्यो वाचूंक नात.

'सगळें तुगेलेंच' अशें ताणें म्हणिल्लें दोगांयनी एकामेकांचे हात धरून अखंड मोगाचो सोपूत घेतिल्लो.

हे गजालीक आठ म्हयने जावन गेले. हे अवधींत ह्या मोगाविशीं परस्परांत आमी कितलेतरी फावटी सांगलां. आपलेभाशेन बरें ताका उलोवपाक येना हें तिका खबर आशिल्लें. पूण आतां दिसता, ती सगळी फटवणूक आशिल्ली. हें जगूच फटींग. सगळे दादले कपटी. कोणाचेरूच विस्वास दवरपांत कांयच अर्थ ना. मोगांत निर्शेवणी वांट्याक आयली. मागीर जिवें तरी कित्याक रावपाक जाय? हांव मरतकूच तांकां म्हजी खरी किंमत कळटली.

घोवाकडेन एक शब्दूय उलोवंचिना अशें तिणें थारावन दवरिल्लें. पूण बेंगळूरांत पावतकीच सुशेगाखातीर ती खाटीर आड पडिल्ली तेन्ना श्रीनिवासूय तेच कुडींत आयलो. ताका पळयतकूच तिका सामकी तिडक मारली. तागेल्या हाताक धरून कुमुदिनीन विचारलें, 'कित्याक म्हजेर तुमी अन्याय केलो? चांडाळ तुमी!'

श्रीनिवासाक हातुंतलें कांयच कळ्ळें ना. 'हांवें कितें केलां?' ताणें म्हणलें.

'काल सावन तुमी कोणाचो विचार करतात तें सांगात.' तिणें म्हणलें. ताका कितें जाप दिवची ती कळ्ळीना. आनी ताच्या तोंडातल्यान जापूय सुटली ना.

'पयर त्या जाणटेल्याक जी घेवन गेल्ली तिका वेंगेंत घेवन मनाक धादोसकाय मेळ्ळी आसतली न्हय?' अशें कुमुदिनीन त्वेशान म्हणलें.

श्रीनिवासाक कितें उलोवचें तें कळ्ळें ना. फट आसा म्हणपाचें काय तुका कोणें सांगलें म्हूण विचारपाचें, कांयच येवजना जालें. तागेलो हात कुशीक काडून, खाटीचे धडेक तकली तेंकोवन व्हडल्यान ती रडपाक लागली. बायलेक कशें समजावपाचें हेंय ताका कळ्ळें ना. ओग्गी उबो रावलो.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं आठ वरांचेर मंत्री भायर गेलो. कुमुदिनीन मंड्यात, आपल्या कुळारा ट्रंककॉल केलो. तिगेल्या बापायनूच रिसिव्हर उखल्लो. 'तुमकां मेळचेंशें दिसता.' अशें तिणें सांगलें. पयले खेपेचे गुरवार चलयेक सवो म्हयनो लागलो तरी तिका कुळारा हाडलीना हाची ताका जाणविकाय जाली. बायलेनूय चार फावटी ताका हाची याद करून दिल्ली. ताणें रोकडेंच चलयेक सांगलें. 'आतांच येतां बाय.'

तीन वरांचेर ते मोटारीन पावले तरिकूय कुमुदिनीन ट्रंककॉल केल्ल्याची कोणाक सुलूस लागूंक दिली ना. तिगेल्या बापायन, केंपण्णानूय तशें उलोवन दाखयलें ना. तो ऑफिसांत वचून मंत्र्याक मेळून आयलो. उपरांत घराकडेन ताणें जांवयाचे आनी वेणीचे कानार ही गजाल घाली. कुमुदिनी वचपाचे तयारेनच बशिल्ली. 'तुमी येयात' अशे जांवयाक सांगून चलयेक घेवन गेले.

सत्याक बापायवांगडा पळयतसावन श्रीनिवास भ्रमांतच आशिल्लो. कुमुदिनीन हो विशय काडत सावन ताका कितें करचें तें कळना जाल्लें. कालचे रातीं एके कुडींत व्हडले खाटीर न्हिदून लेगीत बायलेचें समाधान करपाक ताका जमलें ना. ती कूस परतून दुसरेवाटेन तोंड करून न्हिदली. आतां कुमुदिनी गांवांत वतकूच ताका आपले चुकीची जाणविकाय जाताली. एक पत्र तरी बरोवंक जाय अशें मनांतल्या मनांत म्हणपाक लागलो आनी एक कागद मेजार

दवरून हातांत पेन घेवन बसलो. कितें बरोवचें तें कळ्ळें ना. 'तें सगळें फट, जावन गेल्ली गजाल, निमणें आपली जात ती आपलीच. हांव तुजेरूच मोग करतां. तुजे शिवाय आनीक कोणाचेरूच मोग केलो ना. देवासोपूत घेवन सांगतां.' अशें ताका बरोवचेंशें दिसलें. पूण अशें पत्र बरयल्यार तिचें समाधान जातलें? हो प्रस्न ताचेमुखार उबो रावलो. ताका तशे तरेचें पत्र बरोवपाक जालें ना. शेवटाक कागद कुशीक दवरून तो परतो हांतुणाचेर पडटालो. केन्नाय घरांतल्यान भायर सरून वतालो. वेळ सारपाखातीर तो केन्नाकेन्नाय सिनेमा पळयतालो. आनी रातचो परतो घराकडेन येवन न्हिदतालो.

हाचेवयल्यान सात-आठ दीस गेले. बेट्टय्या घराकडेन आयिल्लो. ताचेकडल्यान सत्याच्या बापायन आत्महत्या केल्ल्याची बातमी कळ्ळी. धा-पंदरा वर्सांपयलीं मातंगीकडेन तागेले संबंध आशिल्ले खंय. आता ताका तिचें पिशें लागिल्लें खंय. अकस्मात श्रीनिवासाच्या मनांत ताचेविशीं आदर दिसपाक लागलो. म्हाकालेगीत अशेंच पिशें लागपाक जाय. ही पँट आनी सिल्काचो शर्ट घालिनासतना वेंतभर लंगोटी लावन किंळच्यो मारीत गांवभर हेडपाक जाय. देवळा लागसारचे मातयेंत लोळपाक जाय. हेच विचार, त्योच कल्पना ताच्या मनांत भरसल्यो. मनांतलो विचार कितलोय काडून उडोवपाचो येत्न केल्यार लेगीत तो वचनाशिल्लो. बेजारून मागीर तो सिनेमाक वचून आयलो.

ताच्या दुसऱ्या दिसा श्रीनिवासाचो मांव घराकडेन आयलो. श्रीनिवासाच्या बापायक म्हणपाक लागलो 'तुगेलो चलो खंयचेतरी ब्राह्मण चलयेकडेन लग्न जावपाक सोदतालो खंय. तें म्हगेले चलयेक कळ्ळें. ताणें खूब मनाक लावन घेतलां. तुगेल्या चल्यान येवन तिका समजावंक जायनाशिल्ली?' वेय अकस्मात येवन सुनेक घेवन गेल्लो, पिशें लागिल्ल्या पुरोयतान गांवात स्राप दिल्लो. सगळ्याची मंत्र्याक याद जाली. रूमांत येवन ताणें चल्याक तापयलो. 'बायलेक आपल्या धाकांत दवरपाक येना आयजकालच्या ह्या भुरग्यांक -' अशें मंत्र्यान म्हणलें.

कें‍पण्णाक त्या दिसा सांजवेळमेरेन बेंगळूरांत कसल्यातरी कामा निमतान रावंक जाय आशिल्लें. दनपारचें जेवण जातकीच श्रीनिवास मोटार घेवन भायर सरलो. चार वरांचेर मावोड्या पावलो. भितर वतकूच मांय ताचे म्हऱ्यांत आयली आनी सुमार अर्द वर दोगांय उलयलीं. पूण कुमुदिनी मात भायर आयली ना. सकयल्या दिवाणखान्याच्या शेजराचे कुडींत ती न्हिदिल्ली. मांयन श्रीनिवासाक ते कुडींत वचपाक सांगलें. भितर वचून ताणें दार बंद करून,

वचून तो खाटीचेर तिचे म्हऱ्यांत बसलो. तें कळटकूच तिणें आपली कूस परतिली.

तिच्या हाताचेर हात दवरून ताणें म्हणलें, 'कित्याक हो इतलो राग?' कांयच उलयनासतना तिणें आपलो हात सोडोवन घेतलो. आतां मुखार कितें उलोवचें तें श्रीनिवासाक कळना जालें. तो मोन्यावरी ओग्गी बसून रावलो. सुमार धा मिणटानीं तिका रडपाक येवंक लागलें. रडटां रडटां तिणें म्हणलें, 'त्या जाण्टेल्याचीं उतरां खरीं जातलीं. ह्या बाळंटेरावेळार हांव जगचें ना. आनी म्हगेलें भुरगेंय उरचें ना.'

ह्या वाक्यान तो सामको हाल्लो. 'अशें अशुभ कित्याक उलयता?'

'अशुभ न्हय, तुमच्या मनांत कितें आसा तें सांगात.'

'कितें आसा?'

'हांव मेल्यार तिचेकडेन लग्न जावन सुखान रावचें अशेंच दिसता न्हय तुमकां?'

'ना. तुजो सोपूत घेवन सांगता!'

'तिका फट सांगलें तुमी! आतां म्हाका सांगनाकात.'

'तिका कितें सांगलां?'

'तुजेकडेन लग्न जातलों म्हूण तिका उतर दिवंक नाशिल्लें? कित्याक तिचेकडेन लग्न जाले नात तुमी?'

'ती दुसरे जातींतली!'

'मागीर तुमी विंगड जातींतले चलयेचेर मोग तरी कित्याक केलो?'

श्रीनिवासाच्या तोंडांतल्यान जापूच सुटली ना. मोन्याभशेन बसून रावलो. कित्याक हांवें तिचेर मोग केलो? तो कसो बळ्ळो? सत्याभितर इतलें कितें आशिल्लें? तीन म्हयन्यांपयलीं होच प्रस्न ताणें स्वताक विचारिल्लो. त्यावेळार येवजिल्ले जापेची ताका आतां याद जाली. तें ब्राह्मण आशिल्लें. ह्याच कारणाखातीर हांवें ताचेर मोग केलो काय? तशें नासतलें. दोगांय एकठांय वाडलीं. मोग वाडलो. मोग वाडप वा वाडप ना कोणाच्या हातांत आसा? तो कांयच उलयना तें पळोवन तिणें परतें म्हणलें, 'हांवें तिचेर केन्नाच मोग केलोना अशें एक फावट तरी फट उलोवन दाखय पळोवया.'

तिगेल्या उलोवण्याचो सूर ताका कळ्ळो. कशेंय उलयल्यार ताचो अर्थ उरफाटोच लायतली. हांवें बी.एल् परिक्षा दिलीच ना. म्हजेबदला हीच वकील जाल्यार बरें जातलें आशिल्लें.

'आतां कित्याक आयल्यात तुमी?' कुमुदिनीन विचारलें.

‘तुका पळोवपाक.’

‘म्हगेलो बापूय बेंगळूरांत गेल्लो. ताणें कितेंय सांगिल्लें आसतलें. म्हूण तुमी आयल्यात. तुमी आपूण जावन आयले नात. खरें न्हय?’

आतां लेगीत सट्ट करून कितें जाप दिवची हें श्रीनिवासाक येवजलें ना. इतले दीस ताणें संवसार केल्लो पूण ती अशी कठोर जातली हें ताणें केन्नाच येवजूंक नाशिल्लें. तो ओग्गी बसलो. कुमुदिनी उठली आनी ताचेकडेन पळयनासतना दार उत्तें करून दिवाणखान्यांत सोफ्याचेर वचून बसली. दिवाणखान्यांत तिगेली आवय, भावजय आनी भावजेलीं तीन भुरगीं आशिल्लीं. रुमांत फकत श्रीनिवास उरलो. तो अपमानीत जालो. पदरां मिणटां तो तसोच बसून रावलो. पूण कुमुदिनी थंय आयली ना. दिवाणखान्यांत येवन मांय आनी तिगेले भावजयेक तोंड दाखोवपाक ताका लज दिसपाक लागली आनी अकस्मात रागूय आयलो. उठून दिवाणखान्यांतल्यान झरझरीत भायर आयलो. पोर्टिकोंत उबी आशिल्ले मोटारींत बसून ताणें मोटार स्टार्ट मारली. धा हात गाडी मुखार वतकूच मांय भितल्ल्यान धांवन आयली ‘खंय वतात?’ अशें भिवन विचारलें. पूण ताणें जाप दिलीना. कम्पावंडाचें दार उत्तें आशिल्लें. गाडयेचो वेग वाडयलो आनी तो गेटींतल्यान भायर सरून गेलो. ते साकरेचे व्हडले कारखानदार आसले म्हूण कितें जालें, हांवूय जाल्यार पाळेगराचो चलो. हांगेल्या गर्वाक हांव खोंट मारतां अशें म्हणून मोटार मुखेल रस्त्याचेर वळयली. ताका तिगेल्या उतरांची याद जालीं. ‘त्या जाण्टेल्याचीं उतरां खरी जातलीं. ह्या बाळंतपणांत हांवूय जगचें ना आनी म्हजें भुरगेंय जगचें ना.’ हें आयकतकीच ताचें अंतर्मन कळवळिल्लें. पूण आतां तींच वाक्यां याद करतना ताका मात लेगीत वायट दिसनाशिल्लें. आनी समज, खऱ्यांनीच ती मेली जाल्यार मागीर सत्याक मेळून माफी मागपाची. आवय, बापूय आनी आजो कोणूय मदीं पडल्यार तांची पर्वा करिनासतना ताचेकडेन लग्न जावपाचें. असली कल्पना मनांत येताली.

4

मंड्यांत कितें जालें? बायलेक कशी फुसलायली? अशें अप्पाजीन विचारलें. हो फकत घोव- बायलेमदलो प्रस्न नाशिल्लो. दोन व्हडल्या संवसारांचो, दोन समाजमुखेल्यांचो आनी दोन जिल्ल्यांतल्या शेतकार भावांचो प्रस्न आशिल्लो ताका हेविशीं जाणविकाय आसप गरजेचें कशें

दिसतालें. पूण ताणें ताची जाप सारकी दिली ना. अप्पान विचारलें, 'तिका हें कशें कळ्ळें?'

'म्हाका खबर ना. हांवें विचारलें ना.'

'थंय वचून कितें विचारलें तर?'

'तिगेली तकली थाऱ्यार नाशिल्ली. हांव तसोच मोन्यांनी भायर सरून आयलों.' अशें सांगून तो आपले कुडींत गेलो.

'केन्नाच चड उलोवपी न्हय. आनी घोव, मांय-मांवाकडेन आदरान वागपी चलयेक अकस्मात कितें जालें म्हणपाचें? लग्नापयलीं घोवाक दुसरेकडेन लग्न जावपाची इत्सा आशिल्ली. जालो ना. तातूंत इतलें मनाक लावन घेवपा सारकें कितें आशिल्लें.' अशें तो मनांतल्या मनांत म्हणपाक लागलो. दुसऱ्या दिसा परतो होच विशय ताणें चल्याकडेन काडलो. पूण ताणें प्रस्नाची जाप कशाय कशी दिली आनी थंयच्यान गेलो. अप्पाक जाय ती जाप मेळ्ळी ना. ताच्या दुसऱ्या दिसा बॅगेंत गरजेचे कपडे घालून, 'तुमकूरांत रावन मोटार आनी ट्रकाचो वेव्हार पळोवंक जाय. थंयच रावतां. आतऱ्या पयऱ्यान मेळपाक येतलों.' अशें आवयक सांगून भायर सरून गेलो. म्हणल्यार सुनेचो रागाचो पारो बरोच चडला आनी हागेली मस्ती चडल्या.

वाडिल्ल्या चल्यामुखार चड वाद घालून आपलो अपमान करून घेवचो न्हय आनी सुनेक समजुतीचीं चार उतरां सांगूक जाय असो विचार करून, बायलेक घेवन मेलगिरीगौडा एक दीस सांजवेळां मंड्याक गेलो. वेयाक आनी सुनेक मुखार बसोवन सांगलें, 'एकाच गांवचे. दोगांय शिकपाक म्हैसूरांत आशिल्लीं. खंयच्या तरी विचारांच्या भारांत ताणें तशें म्हणलें. आपली जात, आपलो शेतकार समाज, आनी आपलें घराणें हाची याद करू दिली. सकाळीं उठून ब्राह्मणाचें तोंड पळयल्यार दीस बरो वचना. मागीर ब्राह्मणाची चली घरांत हाडल्यार कशें जातलें? घर कशें बरें उरतलें? अशो चार समजुतीच्यो गजाली सांगल्यो. आनी तेवटेन चलयेच्या बापायन पांयांतल्या व्हाणांनीं तिका बुद्द शिकयली. थंय तें प्रकरण सोंपलें. काळेंकिट्ट म्हारिणीवरी दिसता तें. तुज्या रुपाची सर ताका खंयच्यान येतली? तुका घरची देवता समजून तुजी पुजा करता तो. इतल्याच कारणावयल्यान इतली कित्याक रागार जाली?'

'मोग कितें काळो रंग पळयता? जाती भेद पळयता, अप्पाजी?' सुनेच्या प्रस्नान तो विस्मित जालो. ताणें असलीं उलोवणीं आयकूंक नाशिल्लीं अशीं न्हय. पूण आपली सून आपले आवय-बापायमुखार बसून आपल्याक असो प्रस्न विचारतली अशें ताका दिसूंक नाशिल्लें. तरिकूय दुसऱ्याच खिणांत ताणें

म्हणलें, 'मोग आशिल्लो जाल्यार विंगड गजाल. आतां तो तिका सामको विसरून गेला.'

'तुमकां कांयच खबर ना. तांचो म्हजेर मात लेगीत मोग ना. बाळंतरपणांत हांव मेल्यार ते तिचेकडेनूच लग्न जातले. जावंदी तांकां लग्न! हांव तांगेल्या मोगांत आडखळ जावन रावची ना.'

'अशीं वायट उतरां कित्याक वापरता, सायबिणी' अशें म्हणून बापायन तापयली. आवयूय तिडकली.

'कितें हीं आतांच्या काळांतली भुरगीं, जात, पात म्हूण देवान केल्लें फट?' अशें म्हूण मंत्र्यान वेयाक फुसलायलो, 'ताका धाडून दितां. तुमीय ताका बापायवरीच. तुमकां जाय जाल्यार सगळें विचारात. कितेंय चुकल्यार समजायात ताका.'

ते रातीं वेयागेर रावन, दुसऱ्या दिसा मंत्री बेंगळूरांत आयलो. मेळपाखातीर निरोप धाडल्यार लेगीत श्रीनिवास तुमकूरांतल्यान आयलो ना. ट्रंककॉल लायल्यार लेगीत 'तो ना' अशी जाप आयली. ताच्या म्हऱ्यांत गेल्यार अपशब्द आयकून घेवचे पडटले म्हूण आपूण वचनासतना बायलेक तुमकूरांत धाडली. वचून ती त्याच दिसा परतली. रंगम्मा दोळ्याक पदर लायत म्हणपाक लागली. 'आवय म्हूण म्हजें तोंड लेगीत पळयलें ना. तोंड दुसरेकडेन वळोवन म्हाका गाळी मारपाक लागलो.'

कुमुदिनी जशी परतें परतें म्हणटाली तशेंच घडलें. सवो म्हयनो सोंपून सातवो म्हयनो चलतना एक दीस तिच्या पोटांत दुखूंक लागलें. रोखडेच दोतोर आयले. रोखडीच तिका दवाखान्यांत व्हेली. बेंगळूरांत ट्रंककॉल केलो. भलायकी खात्यांतल्या सचिवाक फोन करून, ताचेकडल्यान एके बायल-दोतोराक घेवन मंत्री बायलेवांगडा मंड्यांत गेलो. पूण ते पावचे पयलींच पुराय म्हयने जावंक नाशिल्लें बाळंतपण जावन भुरगें मेल्लें. रगताचो स्राव आटापांत येवंक नाशिल्ल्यान कुमुदिनी जाम जायत गेली. शेवटाक ती बेशुद्ध जाल्ली. मंत्री काचाबूल जाल्लो. 'आमी तिका बेंगळूरांत घेवन वचुंया? काय आनीक चार दोतोरांक धाडपाक सांगूं?'

'आतां कांयच करप शक्य ना. आमी आमच्या हातांतल्यान जाता तितले येत्न करतात.' अशें म्हणून थंयच्या सरकारी हॉस्पीटलांतल्या दोतोरांनी भायर निरोप धाडलो. बेंगळूरांतल्यो बायल-रोगतज्ञ दोतोर भितर गेल्यो.

कुमुदिनी वांचली ना. बेंगळूरांतल्यान आयिल्ले स्त्री-रोग तज्ञ दोतोरान

सांगलें, 'सामकी नाजूक प्रकृती. असल्या चलयांक पयलें बाळंटेर सामको त्रासाचो आसता.'

आपोवणें धाडल्यार लेगीत श्रीनिवास बेंगळूरांत आयलो ना. आपली वस्त उरली ना हें खरें आसलें तरी श्रीनिवासान मंड्यात वचून बायलेच्या यादींची दुकां गळोवन 'म्हजें कांय चुकलें नाशिल्लें' अशें मांय-मावांकडेन उलोवन दाखोवचें अशी मंत्र्याची अपेक्षा आशिल्ली. पूण हें श्रीनिवासाक कोण समजावन सांगतलो? स्वता ताचेमुखार वचून आपलो अपमान करून घेवपाची मंत्र्याची तयारी नाशिल्ली. एक फावट भावनावश जावन तशें केल्यार मागीर परतो परतो अपमान करपाक ताका सोपें जातलें. आवयक धाडल्यारय ताचो कांयच उपेग जावचो ना आनी तिकाय अपमानीत जावचें पडटलें. सुनेचे दीस आपल्या गांवांतूच करपाची वेवस्था मंत्र्यान केल्ली. तितलेपुरतो श्रीनिवास गांवात आयिल्लो. त्यावेळार लेगीत तो तांचेकडेन कांयच उलयलो ना. दिसाचो विधी जातकूच तो परतो तुमकूरांत गेलो.

मंत्र्यामुखार व्हडलो प्रस्न उबो रावलो. चली मेली म्हूण वेयाकडेन आशिल्लीं नातीं तोडूंक जाय अशें काय ना. पूण चली आसतना जसो तेंको मेळटालो आनी नेट आशिल्लो तशें आतां जावचें ना हें ताका खबर आशिल्लें. कुमुदिनी आसतना ट्रंककॉल करून अशें न्हय तें तशें म्हणल्यार ते मान्य करून घेताले. ताचेवटेनचे हेर आमदार लेगीत हयकार दिताले. आता हें नातें पयसावल्लेभशेन जालां. आतां तूर्ताक मुखेल्याक सांगून कामां करून घेवपाक जाय. पूण तो चीफ फटींग मनीस. तसो फटींग नाशिल्लो जाल्यार चीफ कसो जातलो आशिल्लो. तांची चली मरतकूच तो तेंको पयलीं भाशेन आसचो ना हाची जाणविकाय ताकाय आसतलीच. कसले वायट ग्रह लागल्यात हें खंयतरी कुंडली दाखोवन विचारूंक जाय.

चल्याच्या भविश्याचोय विचार तांच्या मनांत येवन गेलो. श्रीनिवासाचो खऱ्यांनीच ते ब्राह्मणाचे चलयेचेर मोग आसा काय? तेदेवेळार थारायल्याप्रमाण तांणी आतां रजिस्टर लग्न केलें जाल्यार कितें करपाचें? कायद्याप्रमाण म्हाका कांयच करपाक मेळचें ना. रजिस्ट्राराकूय कांयच करपाक मेळचें ना. आनी श्रीनिवासान कित्याक तुमी करपाक दिनात अशें सबरजिस्ट्राराक विचारल्यार तो कांयच करपाक शकचो ना. प्रत्यक्ष म्हज्या चल्यानूच ब्राह्मणाचे चलयेकडेन लग्न केल्यार रयत भावांमदीं म्हजें स्थान कितें उरतलें? सगळे मुखेली कितें म्हणटले? असले प्रस्न ताका सतावपाक लागले.

रंगम्मा मनांतल्या मनांत सामकी भियेल्ली. पुरोयताचो स्राप खरो थारलो. हो गर्भ उरचो ना म्हणटाले तें खरें जालें. हें बी मूळ घेवचें ना अशेंय ते म्हणटाले. म्हणल्यार मल्लेशाक भुरगीं जावचींच ना काय कितें? अजून ताचो ब्राह्मणाचे चलयेचेर मोग आसा काय कितें? तें आतां गांवातूच रावता. तागेलो अप्पा भाटांत जंय रावतालो थंय सत्यान घरलेगीत बांदपाक सुरवात केल्या खंय. तागेल्या अप्पान ताका अर्दी जमीन आनी वयल्यान पंदरा हजार रजिस्टर लेखी बरोवन नांवार दवरून मागीर ते मेले खंय. हाणें तिचेकडेन लग्न जाल्यार देव ओगी रावतलो? ब्राह्मणाची चली घरांत सून म्हूण येवन आमगेल्या उश्ट्याक तिणें आफुडल्यार आमगेल्या घराचें बरें कशें जातलें? बांद घाल्यार लेगीत उदक व्हांवपाचें तें व्हावतलेंच. कानालांतलें उदक कानालांतूच व्हांवपाक जाय. तळ्यातलें उदक तळ्यांतूच उरपाक जाय. हे ग्रह अशे कशे फिरले? देवाक अभिशेक तरी करपाक जाय. श्रीनिवासाक बरी बुद्द येवन बापायचे इत्सेप्रमाण एकाद्रे जातींतले चलयेकडेन लग्न जावचें अशी ती आंगवण लेगीत करपाक लागली.

कुमुदिनी अंतरिल्ल्याची बातमी कळ्ळी तेन्ना श्रीनिवासाच्या दोळ्यांतल्यान दुकां आयलीं. ताचें ताकाच अजाप दिसलें. ती जगची ना अशें ताचें अंतर्मन ताका सांगतालें. ताचें ताका वायट लेगीत दिसनाशिल्लें. मागीर आपल्याक सत्याकडेन लग्न जावपाक मेळटलें होय विस्वास ताच्या मनांत आशिल्लो. पूण अंतर्मनाचो आवाज खरो थारलो म्हूण आतां ताका दुख्ख जातालें. फाटल्या आठ-णव म्हयन्यांत तिणें ताचें मन वश करून घेतिल्लें. तिगेलें आकर्शक मुखामळ, तिगेली कलात्मक वेशभूषा, म्हौंवाळ उलोवप, हाची ताका पावला कणकणीं याद जाताली. इतलें आसून लेगीत हांवें तिगेल्या मरणाची अपेक्षा कित्याक केली? कुमुदिनी कुळारा वतकूच सत्याची इतली याद कित्याक येताली असो प्रस्न मुखार येतकूच ताका ताची जाप मेळ्ळी ना.

हाचे मागीर बशीच्या मॅनेजमेन्टांत तांचे वटेनचे करियप्पा हांगा काम करपाक रावचे नात. हावेंच दुसऱ्या मनशाक दवरपाक जाय. कुमुदिनीच्या बापायन लग्नांत दिल्ली शॉवर्ले मोटार चलोवन तो बेंगळूरांत गेलो. चलो आपूण जावन घराकडेन आयला तो पळोवन आवय-बापायक उमेद जाली. ताणें बापायक सांगलें, 'ही मोटार म्हाका नाका. मंत्र्याक धाडून दियात. म्हाका एक दुसरी अँबेसिडर मोटार घेवन दियात.'

'लग्नावेळार दिल्ली मोटार ताका कित्याक परती दिवपाक जाय?' बापायन विचारलें.

'म्हाका नाका. बँकेत भरपूर पयसो आसा. मोटार मेळपाक कांयच कठिणाय ना. तुमकां परवडचें ना जाल्यार आसूं. हांव सायकलीन भोंवता.' अशें सांगून जेवणाक लेगीत रावनासतना थंयच्यान गेलो.

श्रीनिवासाच्या बापायन एक दीस बसून विचार केलो. निमाणें मंत्र्याक ट्रंककॉल करून वेयाकडेन उलयले. 'हें पळयात, ती मोटार पळयल्यार श्रीनिवासाक तिची याद येता. म्हूण हांगा येवन रडटालो. तुमकां परती धाडून दियात म्हूण हट धरून बसला. कोणाकडेन धाडून दिवं?'

'ते मोटारीक पळयल्यार आमच्या दोळ्यांत दुकां येवचीं नात? लग्ना वेळार दिल्ली वस्त आमी परते कशे घेतले?'

'कितें करुंया तें सांगात, आतकड्यांत पीळ पडिल्लेवरी जाता.' श्रीनिवासाच्या बापायन म्हणलें.



# बारा

## 1

खोंप आशिल्ल्या जाग्यारूच सत्यान एक ल्हानशेंच घर बांदिल्लें. वट्ट तीन कुडी. मदल्या दोन कुडीं सामकार ल्हानशीच रांदचीकूड. फाटलेवाटेन स वेगळ्यो कुडी. एक कूड जनावरांक बांदपाक, शेताक लागपी आवतां दवरपाक, पाडिल्ले नाल्ल भरपाक जागो केल्लो. सगळेकडेन मंगळूरी नळे वापरून लेगीत, माडाच्यो म्हेडी वापरून मातयेच्यो वण्टी दवरिल्ल्यान आठ हजारां भितर घर बांदून पुराय जालें. आनी उरिल्ले साडेणव हजार सत्यान बँकेंत व्हरून घाले. शेताचे हेर सगळे वेव्हार वेंकटेशूच पळयतालो. सत्या आपल्या हातांतल्यान जाता तितलो वेळ शेतांत कश्ट करतालें. इतलें शिकिल्लें, बऱ्या घराण्यांतलें ब्राह्मण चली शेता-भाटांत रावन शेतकारांच्या बायलांवरी मातयेंत कश्ट करता तें पळोवन तिरुमलापूरांतल्या लोकांकूच न्हय जाल्यार भोंवतणच्या गांवातल्या लोकांकूय अजाप दिसतालें. ह्या कारणाक लागून सत्याचें नांव गांवभर पातळिल्लें.

श्रीनिवासाची बायल मेल्ल्याची खबर सत्याच्या कानार पडली तेन्ना ताकाय खूब वायट दिसलें. अप्पाच्या स्रापाचो परिणाम काय कितें अशें ताका दिसपाक लागिल्लें. ताका ताची सविस्तर म्हायती मेळूंक नाशिल्ली. कोणाकूय विचारून जाणून घेवचें अशें ताच्या मनांत येतालें. पूण लज आनी अभिमान आड येता म्हूण तें कोणाकडेन ह्या विशयाचेर उलोवंक नाशिल्लें. आपलो हे गजालीकडेन कसलोच संबंद ना अशें म्हूण ओग्गी रावपाचो येत्न करतालें.

अप्पा मरून पांच म्हयने जाल्ले. भाटांत रित्या जाग्यांचेर नवे कवाथे लावपाचे नदरेन तें हिशोब करपाक लागलें. आनीक सोळा कवाथे घालपाचो थंय जागो आशिल्लो. तें स्वता खणून एकेक वांटकुळो फोंड काडपाक लागलें. एक दीस दनपारच्या तिनांक फोंड काडटना मोहनदास थंय आयलो. सत्याक ताका पळोवन अजाप दिसलें.

‘नमस्ते’ अशें म्हणून, ‘खूब कामांत आसात दिसता?’ म्हणलें.

‘अशें कितें तरी करत रावपाचें. बसात.’ बांदावयल्या तणाक बोट दाखोवन सत्यान म्हणलें. धवी पँट घाल्ली तरिकूय तो त्या तणाचेर बसलो.

‘चार-पांच म्हयने जाले आसतले न्हय तुमकां मेळून?’ सत्यान म्हणलें.

‘तुमी म्हजेर खूब उपकार केल्यात. हांव थँक्स म्हणपाक लेगीत आयलों ना न्हय?’

‘उपकार आनीक कसले?’

‘तुमगेल्या अप्पाचे मरणाक हांव जापसालदार ना अशी तुमी जबानी दिली.’

‘तातूंत उपकार कसले? खरें तें सांगलें हांवे. इतलेंच.’ सत्यान म्हणलें.

‘दॅटस् रायट. म्हाका कोणाची काकुळट वा उपकार नाकात.’ हें आयकून सत्याक तिडक मारली. ताका मोहनदासाचो सभाव खबरूच आशिल्लो. सभ्य मनशावरी ताका गिन्यान नाशिल्लें. तशेंच भास विनाकारण कशा कशी वापरून झगडीं करपाची प्रवृत्ती पळोवन सत्याक ताचो राग आयलो. हो फकत हांगा हेंच उलोवपाक आयला काय? ना. तागेल्या मनान जाप दिली.

सत्यान ताका म्हणलें, ‘खरें आसा. स्वावलंबन, स्वाभिमान ह्यो गजाली प्रत्येकाकडेन आसपाक जाय.’

‘बराबर, तुमकां म्हज्या मनांतलें सारकें कळ्ळें पळयात!’ अशें मोहनदासान उमेदीत जावन म्हणलें. मुखार कितें म्हणपाचें हें ताका समजलें ना आनी तो परतो ओग्गी बसलो. हे विचित्र परिस्थितींतल्यान वाट काडत सत्यान म्हणलें, ‘कसो चल्ला तुमगेलो बिझनॅस?’

‘बरो चल्ला. हालींसरा तातूंत लेगीत कॉंपिटिशनां वाडल्यांत. जे हरिजन न्हय तेवूय जोतीं-बुटांच्या वेपारांत देंवल्यात.’

‘मागीर? आयल्यार कितें जालें?’

‘येवंदी. पूण आमी हेर वेपारांत मुखार येवचे न्हय अशे तरेन युक्त काडटात.’

‘तें कशें?’

‘हालींसरा देशी जोतीं चडशीं चलनात. सगळेकडेन कंपनीच्या जोत्यांचो आनी बुटांचो खप वाडला. हांच्यो एजन्सीज वयल्या जातींतले लोक घेतात. आनी पयलींसावन आमगेल्या लोकांची जोतीं शिंवपाची कळाशी नानपयत करपाक सोदतात. आमी जर कपड्याचें, भुसारी दुकान वा हॉटेल घालें जाल्यार गिरायक येना. गिरायक येवचें न्हय असो हेर वेपारी प्रचार करतात. सांगपाचें म्हणल्यार आमगेली गरिबी चुकपाची ना.’

'सरकार जमीन, नोकरी, स्कॉलरशीप दिता न्हय?' सत्यान म्हणलें

'फुकट दितात काय कितें? कितलीं वर्सां जालीं? हजारांनी. हे जमनीचेर आमी कश्ट करतात. आतां मात्शी सवलत दिल्यार कितें जालें? इतल्याचेर ओग्गी रावन चलचें ना. आमी तांच्या कमराचेर खोंट मारपाक जाय.'

इतलो वेळ बऱ्या विचारांत उलयतल्या मोहनदासाक अकस्मात तिडकल्लो पळोवन सत्या विरूस जालें. असलो कसलो हाचो सभाव? हाका पासियेंस कित्याक ना अशें सत्याक दिसलें. पूण तसो तो बुद्द नाशिल्लो काय न्हय. सत्यान विचारलें, 'कोणाक खोंट मारपाक जाय?'

'वयले जातींतल्या लोकांक. ताचेबगर कोणूच केन्नाच जाग्यार येवचे नात. खंयच्याय देशाचो इतिहास काडून पळयात. इतिहासीक सत सांगतां हांव. खोंटानीं बडोवपाक जाय, बंड करपाक जाय, तशें जाल्यारूच आमकां न्याय मेळटलो.'

आतां सत्याक तागेल्या उलोवपाची मजा कशी दिसपाक लागली. हो बी.ए. चे परिक्षेंत नापास जाला. तेन्ना तागेले विशय खंयचे आशिल्ले म्हूण कोण जाणा. हांवें इतिहासांतूच एम.ए. पयले श्रेणींत पास केल्या. आनी हो म्हजे मुखार इतिहासांतलें सत सांगता. मोहनदासाच्या उलोवपांतल्या आत्मविस्वासान सत्याच्या स्वाभिमानाक घाय घाल्लेवरी जालो. आपलें शिक्षण आनी इतिहासाच्या गिन्यानांत भर घालून तो आपली परिक्षा घेता अशें दिसून सत्यान ताका विचारलें, 'कांय उदाहरणां दिवन ताचें स्पश्टीकरण करता?'

'म्हाका उदाहरणां दिवन सांगपाक येतालें जाल्यार तुमचे म्हऱ्यांत कित्याक येतलों आशिल्लों? तुमी खूब हुशार. इतिहासाच्यो अभ्यासक तुमीच न्हय? हांवें जे मुद्दे मांडल्यात ताका तुमीच सविस्तर उदाहरणां दिवपाक जाय. तुमकांच विचारपाक जाय म्हूण आयलों.'

'तुमी म्हणटात तेप्रमाण इतिहास बदलूंक जाता?'

'योग्य पद्दतीन बरयात. म्हणल्यार योग्य तो खरो इतिहास बरयात अशें म्हजें म्हणणें. तुमी म्हणटलीं, वाचलेबगर हें कशें सांगता मोहनदास? म्हाका आयचें जिवीत खबर आसा. तातुंतलें सत खबर आसा. तातुंतलें सत म्हणल्यार इतिहासिक सत. कित्याक म्हणल्यार मनशाचो सभाव खंयच्याय काळांत, खंयच्याय देशांत सारकोच आसता.'

'तो खंयचो सभाव?'

'खोंट मारून झोमून घेतलेबगर कोणूच न्याय दिना.' मोहनदासान आपलीं पयलींचीं उतरां मुखार हाडलीं.

सत्याक तें पटलें ना. पूण इतिहासीक सताविशीं ताचें उलोवप उत्सुकताय निर्माण करून गेलें. 'म्हाका आतांचें जिवीत खबर आसा. ताचें सत खबर आसा. हाचें सतच इतिहासाचें सत. कित्याक म्हणल्यार मनशाचो सभाव केन्नाय खंयच्याय देशांत एकूच.' ह्या इतिहासीक सताकडेन आधुनिक जगाचो संबंद जोडपाची तागेली पद्दत मूर्खपणाची निखालस नाशिल्ली. पूण हीं तागेलीं स्वताचीं उतरां? काय खंयच्यान तरी वाचून पाठांतर केल्लीं उतरां? हाचो सत्याक दुबाव मारलो. आनी ताणें विचारलें 'तुमीं इतिहासांतलें कितें वाचलां? म्हणल्यार खंयचीं खंयचीं पुस्तकां वाचल्यांत?'

'चड कांय वाचलें ना. बी.ए नापास जायमेरेन चडशें कांय वाचलेंच ना. ताचेमागीर सात-आठ पुस्तकां हांवें विकतीं हाडलीं. मनुधर्मशास्त्र, एक-दोन पुराणां वाचल्यांत हांवें.'

'तुमी जें सांगतात त्या मुद्यांत तुमी वाचिल्ल्या ग्रंथांत पुरावे आसात?'

'एकाद्र्या पुस्तकाचें न्हय. पुराय इतिहासूच असो चल्ला. आमच्या देशाचोच असो न्हय. युरोपांत लेगीत अशेंच चल्लां. बोवाळ करपाक जाय, खोटांनीं बडोवपाक जाय, कमर मोडूंक जाय. तेन्ना सुदारणा जातली. आतां हांव ज्या कामाखातीर आयलां तें सांगतां. एक ल्हान पुस्तक बरोवन दिवपाक जाय. सरळ कन्नड भाशेंत. आमचीं मनशां सहज वाचून समजुपाक शकतलीं अशेतरेन. जांकां शूद्र म्हणटात ते केन्नाच हे परिस्थितींत नाशिल्ले. अदीं-मदीं तेय प्रबळ आशिल्ले आनी चळवळ करून आपली ताकद दाखयलेबगर ते प्रबळ जावचे नात हें तुमी इतिहासांतल्यान दाखोवन दिवंक जाय. हें तुमगेलें पुस्तक वाचून आमगेले लोक चवताळपाक जाय. सरकारान घाल्ल्या तणाची रवंथ करून गोरवांभशेन मोव जावन रावपाक जायना. आमगेल्या बापायभशेन.'

'ह्या पुस्तकाचें तुमी कितें करतले?' सत्यान विचारलें.

'हांव पयलींच सांगता. शंबर पानांवयर आसपाक जायना. आमच्या लोकांनी कितें करपाक जाय हाचेविशीं हावूंय चाळीस-पन्नास पानां बरयतलों. म्हजे पदरचे पयशे घालून पुस्तकां छापून घेतलों आनी आमगेल्या जातींतल्या लोकांक वांट्टलों. म्हाका एक सांगात, तीन म्हयन्यांभितर तुमकां बरोवन दिवपाक मेळटलें? विद्वानांनी लेगीत हें फट म्हणपाक जायना. कसलोच आक्षेप घेवंक जायना, अशें बरोवपाक जाय तुमी.'

सत्यान पांच मिणटां विचार केलो. एकाद्र्या उद्देशाखातीर ते नदरेन इतिहास बरोवप म्हणल्यार इतिहासाचो दुरुपयोग करप. म्हणल्यार सताविशीं अन्याय करप. अभिमानाचे नदरेन इतिहास पळोवप, थारावीक राजकीय वा हेर

विचारांच्या पुष्ट्यर्थ, इतिहासाचो क्रम बदलुवप, वा इतिहासाची मोडतोड करप हाका सत्या बौद्धिक अनीत मानतालें. तागेले प्रोफेसर सांगताले : जिविताचो प्रवाह म्हणल्यार इतिहास. खंयच्याय सिद्धांताच्या उजवाडांत जिविताचो सोद घेवपाक गेल्यार ताचो अंत केन्नाच मेळना. ताची अचूक विशाळताय समजना. थोडेभितर ताचें खरें सरूप समजना. सगळे सिद्धांत जिवितांतल्यान तयार जातात. जिवीत होच सत्याचो आदार. सिद्धांत न्हय. इतिहासाचेंय तशेंच. जेतरेन सताच्या नांवान जिविताक विकृत करून पळोवप योग्य न्हय, तशेंच सिद्धांताक लागून इतिहासूय बदलप योग्य न्हय. पूण इतिहासाच्या लेखकान जें करचें न्हय तेंच करपाक हो मोहनदास सांगता.

सत्यान म्हणलें, 'माफ करात. म्हाका बरोवपाक जमचें ना.'

'कित्याक, कसले त्रास? तुमकां ताचेखातीर म्हैसूर वा बेंगळूरांत रावन थोडीं पुस्तकां वाचचीं पडटलीं. पयसो खर्च जातलो. ताचो तुमी हुस्को करनाकात. खर्च कितलोय जाल्यार हांव दितलों.'

'प्रश्न पयशांचो न्हय. तुमचो दिश्टीकोण म्हाका मान्य ना.'

मोहनदास ओग्गी रावलो. रोखडोच दोन मिणटांनीं ताका राग आयलो. तो दांत-ओंठ चाबतालो हें तागेल्या दाट मिशांतल्यान दिसून येतालें. तो सट्करून उठलो आनी म्हणपाक लागलो, 'तुमी जात- पात, धर्म मानिनात. फकत न्यायाची बाजू पळयतात अशें म्हजो बापूय तुमकूरांत येवन सांगतालो. आतां सगळें कळ्ळें. आमचे जातीखातीर कोणूच कांय करचो ना. तें आमीच करपाक जाय. तुमी वयले जातींतल्यो. आमकां पांयापोंदा माडूडोवन उडोवपी.' अशें सांगून, 'बरें, येतां' अशे शिष्टाचाराचें एकय उतर वापरिनासतना तो थंयच्यान सट्करून भायर सरून गेलो.

सत्याक तागेल्या उर्मटपणाचो राग आयिल्लो. तागेल्या बापायचो सभाव वेगळोच. ह्या चल्याचो अहंकार वेगळो. अन्याय जाता तो खरो. पूण तो वेळेप्रमाण नश्ट जावन वचपाक जाय. हजारांनीं वर्सांसावन चलीक लागिल्ल्यो पद्दती, आचार-विचार, धा-पंदरा वर्सांनी कशो बदलतल्यो? बापायकडेन जें पांसियेंस आसा तशेंच मोहनदासाच्या आंगात आसपाचें न्हय? वयले जातींतलो कोणूय मेळ्ळो जाल्यार वीख ओंकप होच ताचो सभाव जाला. म्हगेल्या मानसिक पिडेस्त आशिल्ल्या अप्पाक ताणें देवळाकडेन कशे भेश्टायले. ताणें तशें करूंक नाशिल्लें जाल्यार अप्पा अशे मरचे नाशिल्ले. सत्यान चिंतलें. अप्पाची याद काडटकूच सत्याच्या दोळ्यांत दुकां आयलीं.

तो पुराय दीस सत्याचें मन तिडकीन भरून गेल्लें. पूण तागेली बुद्द मात मोहनदासाच्या उलोवण्याचेर विचार करताली. तो म्हणटा तेप्रमाण झगडलेबगर न्याय मेळना काय कितें?

इतिहासकाळांतल्या खंयच्या कालखंडात दलीत लोकांक माडयले आनी तातुंतल्यान ते परते वयर केन्ना सरले हाचेविशीं सत्याक उत्सुकताय दिसूंक लागली. बेंगळूरांतले कॉलेजींतली नोकरी वगडायत सावन आपणें खंयच्याच गंभीर विशयाचेर वाचन करूंक ना हें सत्याक जाणवलें. कपड्याच्या दुकानांत काम करतना मुद्देगौडाकडल्यान कांय पुस्तकां तें हाडटालें. पूण त्यावेळार तीं सारकीं वाचून काडपाक मेळनाशिल्लीं. हांगा गांवात येवन पांच-साडेपांच म्हयन्यांत तर ताणें कांयच वाचूंक नाशिल्लें. पुस्तकां तर नाशिल्लींच. आनी वाचचीं अशेंय दिसलें ना. हांव कसलें जिवीत सारतां अशें ताका दिसूंक लागलें. मोहनदासान सात-आठ पुस्तकां, मनुधर्मशास्त्र, आनी दोन-तीन पुराणां वाचिल्ल्याचें सांगिल्लें ताची याद जाली. ताणेंय मनुधर्मशास्त्र वाचिल्लें. इतिहासाची विद्यार्थिनी म्हणटकूच तें वाचनासतना कशें जातलें? तातुंतले कांय श्लोक ल्हान आसतना अप्पानूच शिकयिल्ले. तो ग्रंथ वाचतकूच धर्मशास्त्र आनी जातीविशीं तागेल्या मनांत तिरस्काराची भावना तयार जाल्ली.

'शुद्रं तु कारयेद्दास्यं क्रीतम क्रीतितमेव वा' पयशे दिवन विकतो घेतिल्लो आसूं वा स्वता आयिल्लो आसूं, शूद्र सदांच दासूच आसता.

'न स्वामि नानिसृष्टोऽपि शूद्रो दास्याद्वीमुच्यते'

यजमानान सोडल्यार लेगीत शूद्र दास्यांतल्यान मुक्त जायना. ताचें दास्य ही सैमाचीच देण. हेसारकेल्यो वळी ल्हानपणातूच सत्याचे ज्ञानप्रज्ञेक एक प्रस्न जाल्ल्यो. कॉलेजींत वतकूच ह्या ग्रंथाबराबरूच हेर इतिहासकारांच्या व्याख्यानांचो अभ्यास करतना त्या काळांतल्या जिविताच्यो नव्यो नव्यो तरा ताका कळटाल्यो. नांवां दवरतना लेगीत ते व्यक्तीचे जातीचीं वैशिष्ट्यां दवरून दवरचीं असो त्या काळाचो नेम आशिल्लो. ब्राह्मणांची नांवां मांगल्यपूर्ण, क्षत्रियाचीं नांवां शक्तीचें दर्शन घडोवपी, वैश्यांचीं संपत कितली आसा तें दाखोवपी -संपतसूचक आनी शूद्रांचीं नांवां वीट येवपी आसपाक जाय ' असो तेन्ना नेम आशिल्लो. मंगलम् ब्राह्मणस्य स्यात् क्षत्रियस्य बलान्वितं वैश्यस्य धन संयुक्तं शूद्रस्य तु जुगुप्सितं' अशें सूत्र ताचेखातीरूच केल्लें.

सत्याक आनीक एके गजालीची याद आयली. कांय चुकांखातीर कांय जातींतल्या लोकांक अमूक ख्यास्त अशें मनूनच सांगलां न्हय? ब्राह्मण वा क्षत्रिय दादल्यान बायलमनशेचेर बलात्कार केल्यार ते धा-वीस 'पण' दंड म्हूण

दिवन मुक्त जावंक शकताले. पूण शूद्रान वयले जातींतले बायलेचो बळजबरेन भोग घेतल्यार ताका मृत्यूदंडाची ख्यास्त आशिल्ली. म्हणल्यार शूद्रांचे दादलेय अशें करताले. मोहनदास सांगतालो ती चळवळ एकाद्रे हे पद्धतीन चलताली काय कोण जाणा! वा कितलेय कडक ख्यास्तीक भीक घालिनासतना आपली वासना पुराय करून घेवप होच मनशाचो सभाव?

सत्या ते राती हेंच येवजितालें. कितल्यातरी वेळान ताका न्हीद लागली. सकाळीं जाग आयली तेन्ना एके गजालीची याद जाली. तें एम्.ए. शिकतना निबंध बरोवपाखातीर कूर्मपुराण शिकतालें. तातुंतलें कलियुगाचें वर्णन अजापीत करून उडोवपी आशिल्लें. मूर्ख शूद्र अधिकारी ब्राह्मणांक मारून बडोवन आपल्या स्थानावयल्यान उठपाखातीर विवश करतले. कलियुगांत राजा ब्राह्मणांचो अपमान करून शूद्रांक मानाच्या स्थानाचेर बसयतले. वेदविद्येंत सुमाराची बुदवंतकाय आशिल्ले ब्राह्मण फुलां तुरे अशा शुभ वस्तुनीं शूद्रांचो सत्कार करतले. शूद्रांच्या घरांत प्रवेश करपाची धिटाय नाशिल्ल्यान शूद्रांच्या दारांत उबे रावन तांचो भोवमान करपाचे वेळेची वाट पळयतले. शूद्र वाहनांत बशिल्ले आसतना तांकां रेवाडो घालून तांची तुस्त करून आनी तांकां वेद शिकोवन ब्राह्मण आपलें पोट भरतले.

ह्या भागाचो इतिहासीक अर्थ समजून घेवपाखातीर सत्या प्रोफेसरा म्हऱ्यांत गेल्लें तेन्ना ताणें सांगलें : 'पुराणांतलें कलियुगाचें वर्णन म्हणल्यार मौर्य काळाउपरांतची सामाजिक स्थिती अशें म्हणूं येता' म्हणल्यार शूद्रांनीं त्यावेळार सामाजिक वेवस्थेक विरोध केल्लो असो ताचो अर्थ जालो.

हाचे फाटोफाट सत्याक मोहनदासाच्या उतरांची याद जाली. ताणें सांगिल्लें फट न्हय. बळजबरेन मेळयलेबगर कोण न्याय दिनात. तशेच धरून खोंट घालेबगर कांयच जावचें ना.

वाचनालयांत बसून ग्रंथ पालथे घाल्यार आनीक कांय देखी दाखोवंक मेळटल्यो. युरोपाच्या इतिहासांत तर हें इतिहासीक सत आसा. म्हणल्यार मोहनदासाक इतिहासाचें खरें मर्म समजलां काय कितें? मोहनदासाचे यादीन सत्याच्या मनांत तिरस्काराचें ल्हार उसळ्ळें. इतलो अहंकार, इतलो व्देश, हीं झगडाळपणां ताचेभितर कित्याक आसात? मानसिक दुयेंसान पिडेस्त आशिल्ल्या अप्पाक मरणाचे धडेर पावयलो ताणेंच. हें येवजून सत्याक ताची तिडकूच मारली.

## 2

दोन दिसांनी सत्याक वाचपाची इत्सा मनांत उत्पन्न जाली. हातांत पयशे आसात. आतऱ्या पयऱ्यान बेंगळूराक वा म्हैसूराक वचून पुस्तकां घेवन येवंक जाय. दिसांतल्यान दोन-तीन वरां वाचपाक सारूक जाय. सगळें सोडून आपूण फोंड काडप, कवाथे लावप, भाटांतली वंय सारकी करप, शेताचीं कामां करप, हातूंत वेळ वगडायतां. कितें सादपाचें आसा हातूंत? मोहनदासाकडेन उलोवणीं जायत सावन वाचनाचे दिकेन सत्याची तकली काम करपाक लागिल्ली. ताचेकडेन जीं उलोवणीं जालीं ताचेविशीं चड वाचन करपाक जाय अशें सत्याक दिसूंक लागलें. ताचेपयलीं मोहनदासालो पुराय विचार समजून घेवंक जाय. पूण ताचेविशींचो मनांतलो तिरस्कार आनी तिडक कमी जावंक नाशिल्ली.

हाचेवयल्यान आनीक दोन दीस गेले. वैयक्तिक राग आनी तिरस्काराक लागून एकाद्र्याकडल्यान जें गिन्यान मेळटा तें न्हयकारप समा न्हय अशें सत्याक दिसूंक लागलें. पूण ताका कशें मेळपाचें? तो तर तुमकूरांत रावता. हांगा केन्ना येतलो हें सांगपाक जायना. म्हूण एक दीस बेट्टय्यागेर वचून मोहनदास गांवात येतकूच ताका भाटांत धाड म्हूण रकाद दवरून येवंक जाता अशें सत्यान थारायलें. बेट्टय्याक मेळून खूब दीस जाल्ले.

त्याच दिसा दनपारच्या सुमार चार वरांचेर कवाथ्याखातीर निमाणो फोंड खणटालें. दिसाक दोन फोंडा परस चड खणपाक ताच्यान जायनाशिल्लें. शूद्र नोकर दिसाक बारा-पंदरा फोंड सोपेपणी खणटाले. ताचे हात-पांय, कमर मात दोन फोंड खणटा म्हणसर दुखून येतालें. आयज हो निमाणो फोंड खणून दवरल्यार फाल्यां नाजाल्यार परां सकयल्या वाड्यावयल्या तिम्मय्याच्या भाटांतल्यान कवाथे हाडून रोवपाक मेळटले. पूण ताचेखातीर अणभव जाय. तिम्मय्यान आपूण स्वता येवन कवाथे लावन दितां म्हूण उतर दिल्लें. मागीर कवाथे लायतकूच तीन दिसांतल्यान एक फावट उदक घाल्यार पुरो, असो मनांत विचार हाडून फोंड खणटालें.

इतल्यांत मीरा थंय आयलें. कॉलेजींत शिकपाक वचत सावन गांवांत तें दुसरेफावटी आयिल्लें. अडेच म्हयन्यापयलीं दसऱ्याचे सुटयेंत आयिल्लें तेन्ना चार-पांच फावटी भाटांत आयिल्लें. आयिल्ले खेपेक तीन-चार वरां सत्याकडेन विंगविंगड विशयाचेर खबरो मारतालें. सांगपाचें म्हणल्यार सत्याक तें विंगविंगड प्रश्न विचारतालें आनी आपलो दुबाव पयस करतालें. सत्या सांगता

तें मन लावन आयकतालें. मीरा सत्याक आपलो गुरु कशें मानतालें. आतां येतकूच मीरान ताका नमस्कार केलो.

सत्यान विचारलें, 'केन्ना आयलें?', 'काल सांजवेळां आयलें' ताणें म्हणलें. ख्रिस्मसाची सुटी पंदरा दीस पडल्या अशें म्हणून मीरा फोंड काडटा थंय शेजराच उबें रावलें. आपल्या गुरुच्या हातांत कुदळ आसा तें पळोवन, 'म्हजेकडेन दियात. हांव खणटां' अशें म्हणून सत्याच्या हातांतली कुदळ काडून घेतली आनी मीरा खणपाक लागलें. मीरा सत्यापरस आंगान घटमूट आशिल्लें. फाटल्या देड वर्सांसावन सत्या वेगवेगळ्या कारणांनी अशक्त जायत वतालें. तर मीरा दिसान दीस सशक्त, सडसडीत आनी रसरशीत दिसतालें. फाटले सुटयेंत आयिल्लें ताचेपरस सामके वेवस्थीत कपडे ताणें घाल्ले. हातांत घडयाळ पयलीं सावन घालतालें. आता गुलाबी रंगाची नायलॉनाची साडी न्हेसून ताचेर त्याच रंगाचें मॅचींग पोल्क घाल्लें. केसांची विणी घालून फुलां माळिल्लीं. तोंडाक स्नो- पावडर, कपलार वांटकुळोच कुकूम ताका सोबून दिसतालो.

फोंडाऱ्यांतल्यान भायर सरून सत्यान आपलें कमर नीट केलें. मीरा साडयेचो पदर कमराक खोवन, फोंडारो खणपाक लागलें. तागेले धपके सत्याच्या धपक्यांपरस चड ताकतीन पडटाले. पूण धा- पंदरा फावटी धपके घालतकूच ताका रोखडेंच पुरो जालें आनी खरस मारपाक लागली. ते डिसेंबराचे थंडेतूय तागेल्या कपलावयलो आनी पोल्यावयलो स्नो-पावडर घामाबरोबर वचपाक लागलो. इतल्याचेर खणपाचें थांबोवप म्हणल्यार कमीपणाचें अशें ताका दिसूंक लागलें. आनी तें स्वास आवरून परतें कामाक लागलें. सत्याक तें कळ्ळें, 'तुजेकडल्यान तें जावचें ना. सोड.' सत्यान म्हणलें. 'ना, जाता हांव करतां' म्हणटल्या मीराकडल्यान कुदळ बळजबरेन काडून घेवन कुशीन दवरली. सत्या मागीर फोंडाऱ्यात देंवलें आनी खणिल्ली माती उपसून वयर काडली. पंदरा मिणटांनी फोंडाऱ्याचें काम पूर्ण जालें. मागीर दोगांयनी कुंडांतल्या उदकांत हात-पांय धुवन कमरेक खोयिल्लो पदर उसयलो आनी हात-पांय, तोंड पुसत एका जाग्यार बसलीं. बसतां बसतां मीराक सत्यान विचारलें 'हॉस्टेलांत कोणूय इश्टिणी जाल्यात?'

'एक दोगां जाणां जाल्यांत.'

'तुजेवांगडा बरेभाशेन वागतात तीं?' मीरा हरिजन विद्यार्थिनींच्या हॉस्टेलांत रावनाशिल्लें. कॉलेजांतल्या चलयांच्या हॉस्टेलांत रावतालें.

‘कांयजाण बरेभाशेन वागतात. हेर सगळ्यो मात पयसूच रावतात. एम्.एल.ए. ची चली म्हूण कळटकूच उलोवपाक येतात. तें पळोवन म्हाका वायट दिसता.’

‘पयर तुगेलो व्हडलो भाव आयिल्लो. ताणें एक पुस्तक बरोवपाक सांगलां.’ अशें सत्यान सांगलें.

‘म्हाका खबर आसा. तागेलो सत्याग्रहाचेर विस्वास ना. मस्ती करपाक जाय. खोटांनी मारपाक जाय. नाजाल्यार वयले जातींतले बागोवचे नात. तेखातीर एक पुस्तक बरोवन आमचे जातींतल्या विद्यार्थ्यांक, मुखेल्यांक पुस्तक फुकट दिवपाक जाय म्हणटा. सदांच ‘क्रांती करपाक जाय’ अशें म्हणत आसता.’



‘पयलींसावन तागेले विचार अशेच?’

‘पयलीं तो कसो आशिल्लो तें म्हाकाय तितलें खबर ना. आमच्या दोगांमदीं सात वर्सांचें अंतर आसा. पयलींसावन हांव ताका पळयल्यारूच भियेतां. अप्पा आश्रमांत रावताले. आमी दोगांय मामागेर शिकपाक आशिल्लीं. तो म्हाका मारतालो. तागेल्या लग्नाच्या वेळार जातीक लागून आडमेळें आयिल्ल्यान हें क्रांतीचें पिशें वाडलां हें मात खरें.’

‘लग्न! हय. हांवूय तेंच म्हणटालें. आतां ताका तीस वर्सां आसतलीं न्हय? मागीर कित्याक आजून लग्न जालो ना?’

‘बी.ए. च्या वर्गांत शिकतना तागेलो एके चलयेचेर मोग आशिल्लो. आमगेले जातींत दावो हात आनी उजवो हात असो भेद आसा. म्हार स्वताक उजवो हात मानतात. आनी आमकां मांगांक दावो हात समजतात. नेलमंगल लागसारूच रावपी तें चली म्हारांच्या जातींतलें आशिल्लें. इंटरमिजियट शिकतालें खंय. तागेलो मोहनदासाचेर खरोच मोग आशिल्लो काय ना कोण जाणा. हरिजन म्हणल्यार आपलेच जातींतलो म्हूण चलयेन मान्यताय दिल्ली. मागीर पोटजातीचो विशय आयलो आनी ते चलयेच्या बापायन सकयले जातींत चली दिवपाक न्हयकार दिलो. आमगेली आर्थीक स्थिती बरी आसून लेगीत तांणी न्हयकार दिलो. चलयेनूय मागीर बापायचेंच आयकलें. तेन्नासावन जातीविशींचो ताचो राग सामको तेंगशेर पावलो. हे गजालीक लागून तागेलें मन पडलें. तो शिकलो ना आनी परिक्षेंत नापास जालो.’

सत्या पांच मिणटां ओग्गी रावलें. मीराच्या उलोवण्यावयल्यान मोहनदासाच्या उतरांचो पैलू कळ्ळो. तेंय गांवांत जल्मून ल्हानाचें व्हड जाल्ल्यान ताका जाती-पोटजातींची बरीच कल्पना आशिल्ली. पूण पुर्विल्ल्या

काळासावन सगळ्यांनी पांयापोंदा माडोवन उडयिल्लो आनी हालींसरा हरिजन ह्या नांवान वळखतात तो समाजूय आपल्याल्या पोटजातींक इतलो मानता हें इतल्या स्पश्टपणान सत्याच्या लक्षांत येवंक नाशिल्लें. इंटरमिजियटांत शिकपी चली, चलयेक कॉलेजींत घालपी बापूय लेगीत इतले बरे स्थितींत आशिल्ल्या आनी शिकिल्ल्या चल्याचे बाबतींत अशी जातीची वणत घालून लग्न मोडटात हाचें सत्याक अजाप दिसलें.

'मीरा, तूं हे जातींचेर विस्वास दवरता?' अशें सत्यान विचारलें.

'हांवें विस्वास दवरपाचेर आनी ना दवरपाचेर कितें जावपाचें आसा?'

'कित्याक?'

'सगळ्यांपरस सकयली जात आमची! आमचेपरस सकयली एकाद्री जात आशिल्ली जाल्यार हांवें जातीचेर विस्वास ना म्हणल्यार ताका कितेंय अर्थ आशिल्लो. अमेरिकन निग्रोनीं 'आमी वर्णभेद मानिनात' म्हणल्यार ताका कितें अर्थ आसा व्हय? तें गोऱ्या लोकांनीं म्हणपाक जाय. हांगाय तशेंच आसा हें.'

ही जाप आयकून सत्याक अजाप दिसलें. कॉलेजींत प्रवेश करून पांच-स म्हयन्यांत तागेलें वास्तव गिन्यान उजवाडांत येवपाक लागिल्लें. तागेलें उदाहरण कशें कानसुलांचेर मारपासारकें आशिल्लें. ही चली बुदवंत जातली हातूंत मात लेगीत दुबाव नाशिल्लो. पूण व्हडल्या भावाभाशेन क्रांतीकारी मनोभावनेची जातली काय आनीक वेगळी जातली कोण जाणां! सत्यान उलयतां उलयतां चवकशी केली, 'कितें वाचलां हालींसरा नवें?' ताणें सुटयेंत चार पुस्तकां वाचपाक हाडिल्ल्याचें सांगलें, आनी सत्याक विचारलें, 'तुमकां वाचपाक जाय? जाय जाल्यार हाडून दितां.'

'तुगेलो भाव गांवांत केन्ना येतलो? ताचेकडेन मात्शें उलोवपाक जाय.'

'परां हांवूच तुमकूरांत वचपाचें आसा. तुमचो रकाद सांगतां ताका. नाजाल्यार तुमी अशें करात म्हजेवांगडा तुमकूरांत येयात. वचून येवया. तुमकांय तितलोच बदल जातलो.'

सत्याकूय दिसलें, कित्याक वचून येवचें न्हय. तशेंच येतना कुदळ, खोरें, कोयती आनी दोन बकेटां लेगीत घेवन येवपाक जाता. त्या गांवांत एकाद्रें फामाद बरें पुस्तकांचें दुकान आसा काय कोण जाणा. आसल्यार एक-दोन पुस्तकां हाडपाक जातलीं.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं बशीन दोगांय तुमकूरांत गेलीं. दोगांय बस स्टँडार मेळ्ळीं. जोडयेन बशींत चडलीं आनी एकमेकांच्या शेजरा बसलीं. तें थंयच्या गांवकाऱ्यांनी पळयलें. जात-कूळ हाचेर विस्वास दवरिनासतना सगळें सोडून

दिल्लें म्हूण सत्याविशीं लोकांमदीं पयलीं आशिल्ली उमळशीक आतां कमी जायत गेल्ली. आतां मांगाचे चलयेक सामकें तेंकून बसलां तें पळोवन तांकां व्हडलेंशें कांयच दिसलें ना. सत्या कितलेंय जालें तरी नांव वगडायिल्लें जावन गेल्लें. गांवकारी आमी जपून रावल्यार पुरो - अशें मनांत घेवन चलताले.

धा वरांचेर बस तुमकूरांतल्या बसस्टँडार पावली. दोगांय देंवलीं आनी चलत बाजारांत गेलीं. मोहनदासाचें दुकान इतलें व्हडलें आसतलें हाची सत्याक कल्पना लेगीत नाशिल्ली. वयर नियॉन बल्बान 'बाटा' हें नांव इंग्लीशींतल्यान व्हडल्या अक्षरांत बरयिल्लो बोर्ड. भितर वतकूच दावेवटेन धा फूट लांबायेचो बूट, सँडल्स, चपलांच्यो काशी दवरिल्लो स्टँड. जमनीचेर पातळायिल्लें कारपेट. गिरायकांक बसपाखातीर मोव बांकांची रांग, दाराकडेन लोखंडाचें मेज आनी कदेलां आनी मेजाचेर रूंद कांच घाल्ली. ह्याच दुकानाक तेंकून आनीक एक जोत्यांचें दुकान आशिल्लें. 'स्वदेशी चप्पल मार्ट' अशें कन्नडान बरयिल्लो बोर्ड आशिल्लो. हाका आनी त्या बाटाच्या दुकानाक मदेंकात एक दार आशिल्लें. हीं दोनूय दुकानां एकेच मालकिचीं आसात हें कोणाकूय पळयतनाच लक्षांत येतालें.

दुकानांत गिरायकां आशिल्लीं. बाटा विभागाच्या मेजाफाटल्यान कदेलाचेर बसून हिशोब करपी तरणाटो ब्राह्मण आशिल्ल्याचें तागेल्या चेहऱ्यावयल्यान दिसून येतालें. भितर येतल्या गिरायकांच्या पांयांक हात लावन तांचीं जोखां पळोवन विंगविंगड जोतीं आनी बूट दाखोवपाचें काम करपी, दोगूय वयले जातींतलेच कशे दिसताले. तातुंतलो एकलो ब्राह्मण दिसतालो. सत्याक एक फावट मोहनदासानूच सांगिल्लें एक बील क्लार्क आनी एक सेल्स बॉय ब्राह्मण म्हूण आनी दुसरो सेल्स बॉय गौड म्हूण. मीराक बील क्लार्कान नमस्कार करून 'वयर आसात' अशें सांगलें. मीरा सत्याक घेवन नीट भितरले कुडींत वचून, थंयच्यान सोपणां चडून माळयेर गेलें. थंयलेगीत बूट आनी जोत्यांचो सांठो आशिल्लो. पूण ताचेफाटल्यान आशिल्ली कूड मात उठपाक - बसपाक योग्य आनी निवळ आशिल्ली. तातूंत एक स्प्रींगेची खाट, लाकडी मेज, बसून बरोवपाक कदेल, चार बेताचीं कदेलां, एक व्हडली गॉद्रेज आलमार आनीक एक ल्हान कांचेचें दार आशिल्लें लाकडी कपाट. तें भरून पुस्तकां दिश्टी पडटालीं. दाव्या हातांत पेटिल्ली सिगरेट घेवन मेजावयलीं हातबरपां चाळटना आपले भयणीवांगडा सत्याक पळोवन मोहनदासाक अजाप दिसलें. तो उठून उबो रावलो. 'वेल् कम्' म्हणून 'तुमकां आयिल्लीं पळोवन अजाप दिसलें' अशें ताणें म्हणलें.

'तुमचेकडेन उलोवपाक जाय म्हणपाक लागल्यो. म्हूण घेवन आयलें.' अशें मीरान सांगनाफुडें सत्यान रोखडेंच म्हणलें, 'बाजारांत इल्लेंशें सामान घेवपाक जाय आशिल्लें. मीरा मेळ्ळें. दोगांय मेळून आयलीं.' सत्यान जोडिल्लीं कांय उतरां ताका खटकलीं. तरिकूय ताणें शांततायेन म्हणलें, 'कित्याक उब्यो रावल्यात? बसात. तुमचीच याद काडटालों. पळयात, हांव तेन्ना आयलों न्हय तुमचे म्हऱ्यांतल्यान, हांवूच बरयता म्हूण बसून पांच-स पानां बरयलीं. तीं वाचून पळयलीं जाल्यार म्हजी चूक म्हाका कळटा.' अशें म्हणून, बेताच्या कदेलार बशिल्ल्या सत्याक ते बरयिल्ले मेजावयले कागद काडून दिले. सत्यान पयलें पान वाचून पळयलें. तागेलें अक्षर स्पश्ट आशिल्लें. भास कृत्रिम आशिल्ली आनी नकली अळंकारान नटिल्ली. पूण त्या लिखाणाचो मुखेल सूर वयले जातीची टिका करपाचोच आशिल्लो. अळणीं उतरां, निंदा आनी तिरस्कारान भरिल्लीं.

'कसली चूक मेळ्ळी तुमकां तें वाचून?' सत्यान विचारलें.

'बरोवपांत इतलीं वायट उतरां वापरचीं न्हय.'

'निजी जिवितांत लेगीत उलोवण्यांत विनाकारण कडवटसाण आनी व्यंग आसपाक जायना.'

ताणें मान वळोवन सत्याचें तोंड पळयलें. तागेलो चेहरो गंभीर आशिल्लो. मोहनदासान म्हणलें, 'म्हाका दिसता हांव बरोवंक शकचो ना.'

म्हणल्यार तुमीच बरोवन दियात असो ताचो सूर आशिल्लो.

'हांव बरयतां. पूण कन्नड बरोवपाची संवय ना. तशी बरोवपाक व्हडलीशी तकालस घेवची पडची ना.'

'तीन म्हयन्यांभितर बरोवन दिवपाक जाय. तुमकां जो खर्च येतलो तो हांव दितलों.'

'खर्च जातलोच. म्हैसूरांत रावपाक पडटलें. पूण तुमी खर्च करपाची गरज ना. म्हजेकडेन पयशे आसात.'

'पूण हें आमगेले जातीचें काम.'

सत्या एक मिनीट ओग्गी रावलें. मागीर ताणें म्हणलें, 'इतलो जातीय भाव तुमच्या मनांत भरिल्लो आसतना हांवें हें काम कित्याक करपाक जाय? म्हाका पयशांची अपेक्षा ना.'

भावाच्या उलोवण्यान मीराकूय खूब वायट दिशिल्लें. आपल्या गुरूक जाणून घेनासतना अशें मस्तीपणान उलयतल्या आपल्या भावाचो ताका राग आयिल्लो. हाचे पयलीं भावामुखार उबें रावन उलोवपाची धिटाय मीराकडेन नाशिल्ली.

कॉलेजींत कांय दीस वचूंक लागिल्ल्यान आनी आपले बुद्धीची जाणविकाय जावंक लागिल्ल्यान ताणें धिटायेन भावाक म्हणलें, 'अण्णा, तांचेकडेन इतलें उलोवन लेगीत तुका तांचो सभाव कळ्ळो ना. तुगेलो सभाव तुवें बदल्लो ना जाल्यार तुका कोणाचोच सभाव कळचो ना.'

मोहनदासाक लज जाली. धाकटी भयण इतली उलयता हें पळोवन ताका अजाप दिसलें. रागूय आयलो. तो ताच्या तोंडाकडेन पळयत रावलो. मीरान मागीर रोखडीच मान सकयल घाली. विशय बदलत सत्यान विचारलें, 'शांती, सत्याग्रह हो मार्ग आपणायल्यार हरिजनांची उदरगत जावचीना अशें दिसता तुमकां?'

भयणीचेर राग काडून परतें आपणें झगडाळ म्हणून घेवपाचें काय रागार जायनासतना जाल्ली लज पचोवन घेवपाची हे दुविधेंत तो आसतनाच सत्यान हो प्रस्न विचारिल्ल्यान मोहनदासाक मात्शें बरें दिसलें. ह्या प्रस्नाचेर विचार करून जाप दिवपाची ताका व्हडलीशी गरज नाशिल्ली. मोहनदासान सट् करून सांगलें, 'तो मार्ग आमगेल्या बापायचो! ते स वर्सां आशिल्ले न्हय शांतीच्या आश्रमांत, कितें सादयलें तांणी? म्हार, मांग हाचे बदला 'हरिजन' म्हूण एक आकर्शक नांव मेळयलें. आनी हरी हें नांव भ्रश्ट करून उडयलें. पूण लोकांमदीं जातीविशीं जो तिरस्कार भाव आसा तातूंत मात लेगीत परिवर्तन जालें ना. सत्याग्रहाचो मार्ग! आमगेल्या बापायन फाटीं एकफावटी गांवातल्या देवळांत हरिजनांक घेवन प्रवेश केल्लो खंय. आतां डेप्युटी मिनिस्टर जाला न्हय मेलगिरीगौडा, ताचेवांगडा देवळांत उबो रावन तीर्थ घेतिल्लो फोटोय दिसाळ्यांत त्यावेळार छापून आयिल्लो. तो फोटोय आमगेल्या घरांत फास्केंत घालून दवरला. मागीर सगळ्या गांवकाऱ्यांनी एकठांय येवन देवाक आनी देवस्थानाक शुद्ध केलें खंय! ताचे उपरांत आमी एकफावट तरी देवळांत गेल्यात व्हय?'

'कित्याक वचपाक जायना?'

'गेल्यार आमकां फातरायतले. मडीं पडटलीं. तुमी म्हैसूरांत शिकतालीं तेन्ना एक दीस हांव तुमच्या गांवांत तुमगेल्या भावाच्या हॉटेलांत घुसून 'म्हाका कॉफी कित्याक मेळची ना.' अशें विचारिल्लें. भितर कॉफी पीत बशिल्ले सगळे म्हज्या आंगार धांवन आयले. आनी म्हाका मारलो. गौड, लिंगायत, विणकार, म्हालो ह्या सगळ्यांनी मेळून म्हाका मारलो. हांगा पळयात.' म्हणत ताणें सत्या म्हऱ्यांत येवन आपली दाट मिशी कुशीक सारून उजव्या ओंठा म्हऱ्यांतलो भाग दाखयलो. पिंजिल्लो ओंठ सत्यानूय पळयलो. 'असो घाय जावपासारको एकल्यान कांचेच्या ग्लासान म्हाका मारलो. हांवें पुलिसांक सांगलें तर तांणी

म्हणलें - लोकांचे इत्सेबगर तूं कित्याक त्या हॉटेलांत गेलो? पिंजिल्लो विद्रूप ओंठ लोकांक दिसचो न्हय म्हूण हांवें इतली दाट मिशी वाडयल्या.'

सत्याक ही घडणूक खबर नाशिल्ली. तें गंभिरतायेन विचार करत बसलें. तोय एक मिनीट कांयच उलयलो ना. मागीर ताणें सांगलें, 'आमगेलो बापूय आश्रमांत कित्याक पळून गेलो तें तुमकां खबर आसा? तांणी मिश्यो वाडयिल्ल्यो खंय! तेखातीर ते गांवच्या यजमानाचो म्हणल्यार तिरुमलेगौडाचो, मंत्र्याच्या बापायचो अपमान जालो खंय! मांगान मिश्यो वाडोवप म्हणल्यार कितें? अशें म्हूण आमगेल्या अप्पाजींक खांब्याक बांदून चाबकांनी फोडून काडले खंय. मागीर लजेन, भिवन म्हगेलो अप्पा गांव सोडून वचून त्या आश्रमांत रावलो. भारत स्वतंत्र जातकूच ते गांवात आयले. म्हजी आवय म्हगेल्यो मिश्यो पळोवन कितें म्हणटा खबर आसा? 'तागेल्या अप्पाक मिश्यो वाडयल्यो म्हूण फोडून काडलें. ताचो सूड म्हूण म्हज्या चल्यान अशो मिश्यो वाडयल्यात.' असो ताचो अर्थ जालो जाल्यार कितें जालें? म्हज्या बापायन म्हाका कितें दिलां तें खबर आसा? म्हजें जल्मनांव सत्तीग. तें काडून तांणी मोहनदास अशें नांव दवरलें. सुदारिल्लें नांव दवरपाचें आशिल्लें जाल्यार फकत मोहन कित्याक दवरलें ना? दास कित्याक जोडलें ताका? म्हणल्यार आमी मूळचे दासूच हें तांणीय मनांतल्या मनांत मान्य करून घेतलां.'

'महात्मा गांधींचें नांव मोहनदासूच न्हय?'

'चल्याचें नांव दवरपाखातीर गुरुचो दास कित्याक जावंक जाय? स्वतंत्र कशें एकूय नांव सुचलें ना हांकां? म्हाका इतलेंच म्हणपाचें आसा, आमच्या लोकांचें हें दास्य गेलेबगर आमी मांगपणाचेर मात करूंक शकचे नात.'

सत्या ओग्गी रावलें. मोहनदासूय कांयच उलयलो ना. कांयवेळ म्हणल्यार धा मिणटां शांततायेन गेलीं. मीरान हाताचे घडयाळींत पळोवन म्हणलें, 'अण्णा, आमी दोगांयनी कांयच खावंक ना. साडेइकरा जाल्यांत.'

'खावपाचें मागीर पळोवया.' सत्यान म्हणलें.

'सॉरी' - म्हणत मोहनदासान मेजाचे पांयाक बसयिल्ली कॉलबॅल दामली. सकयल काम करपी एकलो नोकर वयर आयलो. दोन प्लेट इडली-लोणी, दोन तुपाचे दोशे (पोळे), तीन प्लेट उडीदवडे आनी तीन कॉफी मागोवपाक सांगतकूच तो भुरगो थंयच्यान गेलो.

सत्यान विचारलें 'धरून खोंट मारपाक जाय म्हणटात, हे भाशेचो अर्थ कितें? म्हणल्यार म्हाका अशें विचारपाचें आसा, कितें केल्यार हरिजनाक समानता मेळटली अशें तुमकां दिसता? उजो लावन घरां लासून, तळेबांद

फोडून, टायम बॉम्ब दवरून रेल्वे-स्टेशन उडयतकूच ती मेळटली अशें दिसता?'

'हांवें बरयिल्लें वाचलें न्हय? तिडकीन कितेंय बरयल्यार अभिप्राय स्पश्ट जायना अशें म्हाका आयज कळ्ळें. खोंट म्हणल्यार ताचो अर्थ तसो न्हय. म्हगेल्या अप्पाकूच पळयात, तांगेलें उश्टें खावन असेंब्लींत तांगेल्या इशाऱ्याचेर फकत हात वयर कसो काडटा! अशींच आमचीं मनशां. गांवांतूय तशेंच. आमगेल्या लोकांत आत्मसन्मान नांवाची वस्तूच ना. एक फावटी देवळांत गेले. जालें! थंयच सोंपलें. एक काम करपाक जाय. असेंब्लीचे मेंबर जावं, मंत्र्या म्हऱ्यांत वचपाक जाय. आमच्या गांवांत एक देवूळ आसा. आमी सदां तातूंत वतले. कसलोच बोवाळ जावचो न्हय हेखातीर तुमी पुलीस धाडात. धाडले ना जाल्यार दिसाळ्यांत छापतले. तुमकां तेंको दिवचे नात. विरोधी पक्षाक दितले. अशी धमकी दिवन संमती मेळोवपाक जाय. मागीर गांवातल्या आमगेल्या लोकांची म्हणल्यार सुमार वीस-तीस जाणांची एक समिती करपाक जाय. सकाळ-सांज चौग चौग जाणाचो पंगड करून देवस्थानांत वचून येवपाक जाय. अशें सुमार तीन म्हयने करपाक जाय. लोकांकूय ताची संवय जातली. जर इतलेंय करून ती जाली ना जाल्यार डायनामायटान तें देवूळ उध्वस्त करपाक जाय.'

'इतलें केल्यार पुरो?' सत्यान विचारलें.

'ना. हॉटेलांत घुसपाक जाय. सुरवेक पुलीस वांगडा दवरपाक जाय. मागीर आमगेल्या लोकांनी धिटायेन हॉटेलांभितर सरपाक जाय. कोणेय आडायले जाल्यार, धरून तांगेले दांतूच भितर घालूंक जाय. रातीं तेळून रावन तांगेले हात-पांय मोडपाक जाय. एक-दोन खून जाल्यार लेगीत जाता. असल्या कामाक आमगेल्या लोकांचो एकवट जाय. हांव जें सांगता तें तांकां सारकेंच कळपाक जाय. म्हणल्यार आमच्या अप्पासारकेल्या लोकांनी आमदार जावंक जायना. खऱ्या दादल्याक वेंचून दिवंक जाय.'

इतल्यांत हॉटेलांतल्या पोरान ऑर्डर केल्ल्यो खावपाच्यो वस्तू हाडल्यो. मोहनदासाचो नाश्ता केन्ना जाल्लो. तेखातीर ताणें फकत वडे खावंक घेतले. पोरान दुसरे फावटीक कॉफी हाडली. तितले म्हणसर मीरान आनी सत्यान खावन घेतलें. कॉफी पिवन जातकूच सत्या उठलें आनी कांचेचें दार आशिल्ल्या लाकडी आलमारीकडेन वचून उबें रावलें. मोहनदासान आलमार उक्ती करून दिली. इतिहासाचीं आठ पुस्तकां आशिल्लीं. मनुधर्मशास्त्र, कूर्मपुराण, विष्णुपुराणांचो इंग्लीश अणकार. आंबेडकरांची चडावत पुस्तकां

थंय आशिल्लीं. तीं सोडून चार रसायनशास्त्राचीं पुस्तकां आशिल्लीं. 'ही केमिस्ट्रीचीं पुस्तकां तुमकां कित्याक?' सत्यान विचारलें.

'बेश्टींच! आवड आसा मात्शी' अशें ताणें म्हणलें. हो प्रस्न विचारिल्लो मोहनदासाक आवडलो ना हें तागेल्या आवाजावयल्यान कळ्ळें. सत्यान आनीक कसलोच प्रस्न ताका विचारलो ना.

परतें सुमार एक वर बसून सत्या ताचेकडेन उलयतालें. मीरा व्हडाउमेदीन तांगेलीं फकत उलोवणीं आयकतालें. पूण मदीं उलयनाशिल्लें. मागीर सत्या दुकानांत वचून येवपाखातीर उठलें. 'तुमकां कितें जाय तें बरोवन दियात. नोकराक धाडून सगळें हाडून घेतां.' अशें मोहनदासान म्हणलें.

'नाका. आमी दोगांय बाजार भोंवन येतात. म्हाका एक चार पुस्तकां विकतीं घेवपाक जाय. आवयक साडी घेवपाक जाय.' अशे मीरान म्हणलें.

'म्हाकाय पुस्तकां घेवपाक जाय. दोगांय वचून येतात.' अशें सत्यानूय म्हणलें.

'हांव सकयल दुकानांत बसतां. तुमी वचून येयात.' मोहनदासूय तांचेवांगडा सकयल आयलो आनी दुकाना भायरमेरेन तांकां पावोवन भितर गेलो.

बाजारांतल्यान वतना उजवेवटेन आशिल्ल्या एका बोर्डाकडेन सत्याचें लक्ष गेलें. 'एस्.एस्. मोटर सर्विस' अशें नांव पळोवन सत्याचो रगताचो प्रवाह मात्सोवेळ थांबिल्लेवरी जालो. त्याचवेळार श्रीनिवास कांचेचें दार धुकलून भायर आयलो आनी दारांत उबे आशिल्ल्या अँबॅसिडर मोटारींत वचून बसलो. ताणें मोटार स्टार्ट करतना दोगांकूय पळयलें. ताणें मोटार बंद केली आनी सत्याकडेन उलोवपाखातीर म्हूण ताणें मोटारीचें दार उक्तें केलें. आपलें ताचेकडेन लक्ष ना अशें दाखोवन सत्यान दावेवटेन पळयत आपलो चलपाचो वेग वाडयलो. हें सगळें मीराच्याय लक्षांत आयलें. तेंय झरझरीत चलपाक लागलें.

सत्यापरस मीराक तुमकूराची बरीच म्हायतती आशिल्ली. तांणी पुस्तकाच्या दुकानांत पुस्तकां पळोवन, आपल्याक जाय तें सामान विकतें घेवन, दोन बालद्यो, खोरें, कोयती, खुरपी घेवन एका नोकराच्या हातांत दिवन तीं दोगांय एस्.एस्. मोटर सर्व्हिसाच्या मुखावयल्यान येवपाचें सोडून विंगड रस्त्यान मोहनदासाच्या दुकानाकडेन पावलीं. तितले म्हणसर दनपारचीं तीन वरां जाल्लीं. 'वतनाच जेवन वचपाचें. तुमकां याद करपाक विसरलों. जेवण काडून दवरपाक हॉटेलांत रकाद दवरला. थंड जालां आसतलें इतलेंच. चलात.' अशें म्हणून मोहनदासूय तांचेवांगडा हॉटेलांत आयलो आनी तांचेवांगडा जेवपाक बसलो.

इतलो वेळ तो जेवनासतना आपली वाट पळयत बसलो हाची सत्याक लज कशी जाली. दोन उंडयो पोटांत वतकूच सत्यान म्हणलें, 'आनीक एका सप्तकान हांव म्हैसूरांत वतलें. फाल्यांच म्हगेल्या प्रोफेसराक पत्र बरयतलें. चलयांच्या हॉस्टेलांत तीन म्हयन्यांखातीर जागो घेवन दिल्यार पुरो. आमगेल्या सराचे मजतीन तुमी सांगिल्ल्या त्या विशयाचेर हांव बरयतलें. पूण मुखावयल्या भागांत कितें बरयतले तुमी?'

'सांगिल्लें न्हय? पयलीं अशें जालें. आतां लेगीत आमी खोंटांनीं बडयलेबगर न्याय मेळचो ना. अशें बरयतलों. तुमी म्हजी भास मात तपासात.'

अकस्मात सत्याक एके गजालीची याद जाली. ताणें विचारलें, 'हें खंयच्या लोकांचें हॉटेल?'

'उडुपी ब्राह्मणांचें.'

'तुमी हरिजन म्हूण तांकां खबर ना?'

'खबर आसतली. हें व्हडलें शार. तांकां कित्याक भितर घेतले म्हूण मालकाक भेश्टावन हॉटेलाक उजो घालचे नात. खेड्यांतली गजाल वेगळी.'

'म्हणल्यार फकत खेड्यांची सुदारणा जावंक जाय?'

'शारातूंय जावंक जाय. हांगासरल्या देवळांत जर हांव गेलों आनी ते म्हाका वळखले जाल्यार म्हजे आंगावयली कात काडून ताच्यो व्हाणो करून पांयात घालतले.' अशें तो दांत-ओंठ चाबत म्हणपाक लागलो.

दुकानांतल्या ब्राह्मण भुरग्यान बालद्यो आनी हेर सामान बसस्टँडामेरेन हाडून बशींत चडोवन दिलें. मोहनदासूय तांचेवांगडा येवन तांकां बशींत बसोवन गेलो.

दुसऱ्या दिसा सत्यान वेंकटेशाक रकाद धाडून आपोवन हाडलो आनी सांगलें, 'हे नेम मारल्यात. फाल्यां तातूंत कवाथे लायतलें. आनीक सात-आठ दिसांनी हांव म्हैसूरांत वतलें. तीन म्हयने थंयच रावतलें. वाचनालयांत बसून मात्शें वाचन करपाक जाय. तेमेरेन ह्या कवाथ्यांक तीन दिसांतल्यान एक फावटी उदक घालपाचें काम तुजें.'

'हांवें पयलींच सांगूंक नाशिल्लें तुका, हीं शेता-भाटांची कामां तुजेकडल्यान जावचीं ना म्हूण. शिकिल्ल्यांक वाचनाची आवड आसता. कितले दीस तुगेलें मन मातयेच्या कामांत रमतलें. जें आमगेल्या जातीक नेमून दिलां तेंच काम आपणें करपाक जाय.'

तागेलें उलोवप सत्याच्या मनाक लागलें. पूण तें सामकेंच भायर उडोवपासारकें नाशिल्लें. हांवें ल्हानपणासावन वाचनाची सवंय दवरिल्ली म्हूण.

नाजाल्यार ही आवड कशी उरतली आशिल्ली? हाचो जातीकडेन कसलो संबंद? अशें सत्यान मनांतल्या मनांत म्हणलें. तेचबराबर वाचनाची संवय दवरूंक नाशिल्ली जाल्यार, हो विचारूच ताका सहन जालो ना. वेंकटेशाचो चलो आनी हांडीर धरिल्लें चली शिकलेबगर रावतलीं? वेंकटेशान नाका म्हणल्यार लेगीत हांव सोडचेंना. जबरदस्तेन तांकां शिकपाक धाडटलें - अशें सत्यान मनांतल्या मनांत म्हणलें.

### 3

सत्या सुमार साडेतीन म्हयने म्हैसूरांत राविल्लें. पुस्तकां वाचनालयांत बसून वाचपाचीं, हॉस्टेलांत येवन न्हिदतना तोच विशय सपनांत लेगीत घोळोवपाचो. अशेतरेन तितलेय दीस सत्या इतिहास काळांतूच वावुरतालें. सुरवेक ताका जाय तो विशय हाताक लागूंक नाशिल्लो. श्रीनिवासाचें दुसरेकडेन जाल्लें लग्न, तागेल्या बायलेचें गुरवारपण, अप्पाचें पिशें, तांगेली अरुंधती, श्रीनिवासाचे बायलेक स्राप, तिगेलें मरण, आपणाक अप्पाकडल्यान मेळिल्ली जमीन, ह्या वास्तव जिवितांतल्या उगडासानूच तें तळमळटालें. हातुंतल्यान भायर सरून पुरायपणान इतिहासांत रमून वचपाक ताका शक्य जावंक नाशिल्लें. आपणालो वर्तमानकाळ आनी भूतकाळ ताच्या वाचनाच्या आड येतालो. पूण मागीर वाचन आनी चिंतन जसजशें वाडपाक लागलें तशें ताका हें सहज शक्य जावंक लागलें. आपले भोंवतणच्या परिसराचें आनी सदांच जांचेकडेन मेळपाचो-उलोवपाचो प्रसंग येता त्या व्यक्तींचें चित्रण आपूण इतिहासांतूय पळयतां असो सत्याक अणभव येवपाक लागलो. समस्याय आतां चड स्पश्ट रुपांत मुखार येवपाक लागल्यो.

आपल्याक जाय तितलो विशयाचो संग्रह करून ताचे नोटस् काडून जातकूच म्हैसूर सोडपाचें सत्यान थारायलें. एकवटेन ताका गांवची याद येताली. भाट, कुंड, नव्यान बांदिल्लें घर, ताचेपरस चड अप्पान आपल्याक यज्ञोपवित घाल्लो जागो प्रचंड वेगान आकर्शित करतालो. अप्पा ज्या जाग्याचेर हवन करतालो तो जागो ताणें नव्या घरांतलेगीत तसोच दवरिल्लो. एक दीस आपल्या प्रोफेसराक, हॉस्टेल वॉर्डनाक, वाचनालयांतल्या लोकांक नमस्कार करून आपणें काडिल्लीं टिपणां, कपडे, सगळें घेवन गांवात येवपाक भायर सरलें. बसस्टँडार येतकूच भावजय जयम्मा, व्हडलो चलो वासू आनी धाकली चली राधा हांची ताका याद जाली. आनी बस स्टँडावयल्यान तें कपड्यांच्या

दुकानांत गेलें. थंय जयम्माक एक बरी वायलाची साडी आनी पोल्काखातीर कपडो, भुरग्यांक तयार कपडे आनी फळां घेवन तें बशींत चडलें.

दनपरां तीन वरांचेर सत्या गावांतल्या बसस्टँडार पावलें. आपलें सगळें सामान घेवन तें भावागेर गेलें. नरसिंह पुरोयत वारांदार न्हिदिल्लो. सत्याक पळयतकूच जयम्मान ताचें व्हडा उमेदीन स्वागत केलें. आनी 'येदें व्हडलें वजें, ही पोती एकलेंच उखलून घेवन आयलां, हॉटिला लागसार कोण नोकर नाशिल्लो काय कितें? आपलें सामान आपणेंच उखलपाक जाय अशें तुगेलें मत आसा काय कितें? कितलें बारीक जालां तें हारशांत वचून मात्शें पळय.' अशें म्हणून माथ्यावयलें वजें सकयल देंवयलें. वेंकटेश घराकडेन नाशिल्लो. गांवात सॅन्सस चलतालें. म्हूण तो गांवात गेल्लो. हात-पांय धुवन सत्यान कपडे बदल्ले. वासू कपडे आनी खाण पळोवन उडक्यो मारपाक लागलो. राधा न्हिदिल्लें. 'म्हाका कित्याक साडी हाडली?' अशें जयम्मान वयलेवयर म्हणलें पूण भितरल्यान तिका उमेद जाल्ली.

सत्यान जेवतना जयम्माक सारकीच पळयली. आतां भुरग्याक आठ म्हयने जाल्ले. हे खेपेच्या बाळंतपणांतूय जयम्मा बारीकूच आशिल्ली. आतां इतले दीस जाले तरी तिगेलें आंग भरून येवंक नाशिल्लें. भुरगें आंगावयलें दूद पिता म्हूण एकाद्री तशी जाल्या जावंये! हें जाणून लेगीत सत्यान विचारलें.

'तूं कित्याक इतली आंवळून आयल्या? भरपूर दूद-तूप खावन घटमूट जावंक जायना! घरांतली गाय दूद दिना?'

'भरपूर दिता.'

'मागीर अशी कित्याक भागल्या.'

'खंय भागल्या हांव? म्हाका कसली धाड मारल्या? नशीब म्हजें -' अशें म्हणून ती ओग्गी रावली.

तिगेल्या कुळारासावन वेंकटेश बळजबरेन सोळा हजार घेवन आयिल्ल्यान थंय तांकां खूब त्रास जाल्यात, त्या हुस्क्यान जयम्मा सुकल्या हें सत्याच्या लक्षांत आयलें. 'विठलापूरांत सगळीं कशीं आसात, थंयच्यान पत्र आयिल्लें?'

'हय, आयिल्लें. आतां थंय कितेंय जाल्यार लेगीत खंयच्या तोंडान हांव तांगेली चवकशी करतली?'

सत्या मोन्यांनी धंयान कालयिल्लें शीत जेवतालें. भावजयेची उतरां सत्याच्या मनाक तोपतालीं. जयम्मान म्हणलें, 'तुका अशें जालें आनी तुका गांवात येवपाक लज दिसपाक लागली म्हूण तूं शारांतल्या कपड्याच्या दुकानांत नोकरी करपाक लागलें. तेखातीर अप्पान तुज्या नांवार जमीन बरोवन

दवरली तातूंत कितें जालें? व्हडलो पोटलो गेलो? हांगा आमकां कितें उणें आसा? अप्पाचे इस्टेटींतलें अर्द, पुराय देवस्थानाची जमीन, हें घर, फाटलें भाट, इतलेंच न्हय हॉटेलाचे दिसाक पंदरा रुपया येतात. पेपराची एजन्सी आसा. हाचेशिवाय हे आनीक कितलेतरी उद्देग करून पयशे मेळयतात. इतलें पावलें ना म्हूण जांणी चली दिली त्या मावोडेच्या लोकांचें हड्डेंच कोंरातलें. अश्वत्थ अण्णाक पळयल्यार म्हजो जीव तळमळटा. आतां ताका एकतीस वर्सां जाल्यांत. हांव लग्नूच जायना अशें म्हणटा तो. हे खेपो बाळंटेर कुळारा करून घेतना म्हज्या जिवार कितलें आयलें म्हूण सांगूं! तांणी सगळें अपुरबायेन केलें. तरिकूय थंय रावन नवी साडी न्हेसून येतना म्हजी कितें गत जाली आसतली? म्हजें कुळार तुटलें इतलें मात खरें.'

जयम्माच्यो भावना सत्याच्या अंतर्मनाक भिडटाल्यो. पूण वेंकटेशाचो सभाव ताका ताचेपरस चड कळटालो. हातूंत आपूण कांयच करूंक शकना हेंय सत्याक कळटालें. तरिकूय ताणें समाधानाखातीर म्हणलें, 'जें जावपाचें तें जावन गेलें. आतां जाल्ल्यो गजाली मनाक लावन घेवन कितें जावपाचें आसा? विचार करून करून बारीक जावन दुयेंत पडल्यार भुरग्यांक कोण पळयतलो?'

'आंवंय, हांव मेल्यार आनी कोण रडटलो?' म्हणटां म्हणटां जयम्माच्या दोळ्यांत दुकां भरून आयलीं.

'रडून कितें जावपाचें आसा? जें घडलां तातूंत बदल जावपाचो आसा?'

'तें जावं. त्रास काडपाचे म्हज्या कुळाराच्या मनशांच्या नशिबांत बरयलां आनी तीं काडटात. अशें म्हूण मनाचें समाधान करून घेवपाचें. पूण हांव तरी खंय सुखी आसा हांगा?'

'कितें जालें सांग जयम्मा, सारकें सांग पळोवया.' सत्यान तिका आग्रो केलो.

'हात धुवन यो. सगळें सांगता.' अशें जयम्मान म्हणलें.

सत्या ताट घेवन न्हाणयेंत गेलें. ताट धुवन, घोंट घेवन परतें रांदचे कुडींत आयलें. जयम्मा फाटोफाट शेणाचो लोळो काडून आयली. दोगांय रांदचे कुडींत येतकूच जयम्मान ल्हव आवाजांत सांगलें, 'हांव बाळंटेराक गेल्लीं, तेन्ना फाटले दारांतल्यान, तीऽ म्हाल्याची चली आसा पळय, चेडी खंयची, रुद्री खंय तिचें नांव, तें येतालें खंय. तें येवचे पयलीं वेंकटेश नरसिंह पुरोयताक देवळांत पुजेखातीर, भाटांत वा हॉटेलाचेर खंयच्याय कामानिमतान घराभायर धाडटालो खंय.'

सत्याक वायट दिसलें. पूण व्हडलेंशें अजाप दिसलें ना. ताका हेंच वेसन लागिल्ल्यान वेंकटेश इंटरमिजियेट परिक्षेंत नापास जाल्लो. घरांत रांदप-वाडप करपाक सून जाय आनी तेचबराबर हेंय कारण आशिल्ल्यान अप्पान तागेलें लग्न बेगीन केल्लें. हो विशय जयम्माक खबर नाशिल्लो. जयम्मा पयलींसावन खूब सुंदर आशिल्ली. लग्नांत तर ती कापराचे बावलेवरी दिसताली. सत्याकूय दिसतालें, अशें रुप, असो रंग आमच्या लोकांक मेळप सामको कमी. म्हूण आतां दोन भुरग्यांची आवय जाली तरीय तिचें रुप आनी चेहऱ्यावयले भाव तशेच आशिल्ले. फकत मिडल-स्कूलमेरेन शिकली तरी तिचो चेहरो तरतरीत आनी बुद्दय बरी आशिल्ली. सभाव तर सामकोच बरो आशिल्लो. इतली बरी बायल आसतना वेंकटेश असो कित्याक वागलो? सत्यान जयम्माची समजूत काडपाचो येत्न केलो, 'एकेकल्याचो सभाव आसता तसलो. तूं कुळारा बाळंटेराक गेल्ली म्हूण तो तसो वागलो दिसता. आतां तशें कांयच नासतलें-'

'बायल बाळंटेराक गेली जाल्यार वेवस्थीत रावंक जायना? कितलेंय जालें तरी तें म्हाल्याचें चली. तागेल्या बापायन कापणी केल्यार तुळशीच्या मुळांतले मातयेन भाणांतलें उदक शुद्ध करून न्हातात.'

'ताका तुवें पळयलां?'

'चेडी, सारकें घोडी कशी दिसता.'

'तुका कोणें सांगलें? एकाद्रें फट लेगीत आसपाक शकता.'

'फकत कुपण्णय्यांगारांचे बायलेनूच सांगला अशें न्हय, आनीक दोग-तीग जाणांनी सांगलें. फट न्हय. आतां संबंद आसा काय ना तें खबर ना. हावें विचारल्यार, 'कोणे सांगलें तुका? व्हाणानीं फोडून काडटा तिका' अशी धमकी दिली. अशे बाबतींत कोण मुखार येवन सांगतात? आनी हांव तरी तांचीं नांवां कशीं सांगूं?'

सत्याक भावजेची काकुळट दिसली. वेंकटेशाक सांगपाक जाय. पयलीं म्हज्या आंगार येतलो. पयलीं मान्य करचो ना. मान्य केलें ना जाल्यार लेगीत असल्या कामाक वचपाक मात्सो फाटीं सरल्यार पुरो, मात्सो भंय आसल्यार पुरो. सत्यान तशें उलोवन दाखयतकूच जयम्मान म्हणलें, 'तूच सांग. ते हेर कोणाकूय एक चिमटीभर मीठ घालचे नात.'

सत्या सांजवेळा भाटांत वचपाक भायर सरलें. पूण जयम्मान ताका वचपाक दिलें ना. 'थंय कुलप घालां. भितर धुल्ल कितलो जाला म्हूण कोण जाणा. आतां थंय वचून कितें करतलें? हांव म्हणटां, तूं एकलेंच थंय कित्याक

रावता? सुशेगाद हांगाच राव. जायजाल्यार भाटांत सदांच वचून भोंवताडो मारून यो.'

'तुका कांयच कळचें ना तें. म्हाका थंयच रावपाक जाय.'

'तुका थंयच रावपाची इत्सा आसल्यार फाल्यां गेल्यार जालें. आतां बशीन येवन पुरो जालां तुका.' असो जयम्मान आग्रो करतकूच सत्याक रावचेंच पडलें.

जयम्मान म्हणलें, 'तुजेकडेन मन मेकळें केलें म्हूण. मात्शें जिवाक बरें दिसलें. भायल्या लोकांकडेन असल्यो गजाली केल्यार आमगेल्या घराची अब्रू उरतली?'

इतल्यांत वासू एक रंगीत कागदाचें बंडल घेवन रांदचे कुडींत आयलो. बिडी वा टूरींग टॉकिजाच्या जायराती सारकेले ते कागद आशिल्ले. विंगविंगड रंगाचे आनी विंगविंगड आकाराचे ते कागद जयम्मान पळयले आनी उठून भुरग्याच्या हातांतल्यान ओडून घेवन म्हणलें, 'मेजाच्या खणांत कित्याक हात घालो? हे पिंजून उडयल्यार तुगेलो अण्णा तापयतलो पळय.'

सत्याचें ताचेकडेन लक्ष गेलें. आनी जाणून घेवपाची मनांत उत्सुकताय तयार जाली. वासूच्या हातांतले ते कागद जयम्माकडल्यान सत्यान मागून घेतले. सगळे कागद एकाच विशयाकडेन संबंदीत आशिल्ले. एकेका पोटजातींतल्या लोकांनी आपले जातीच्या लोकांखातीर छापून घेतिल्लीं सुचोवणी पत्रकां. तातुंतल्या वयल्या तांबड्या कागदाचेर वयलेवटेन मदीं खाड-मिश्यो आशिल्ल्या एका साधूचें चित्र आशिल्लें. कपळाचेर तीन नाम, गळ्यातलें जानवें स्पश्ट दिसतालें. चित्रा सकयल 'श्री वाल्मिकी महर्षि प्रसन्न' अशें बरोवन ताचेसकयल बरयिल्लें-

'महर्षी संतानांक,

तुमी तुमगेल्या पुर्वज पितामहांची याद करात. आयज वाल्मिकी महर्षी म्हूण फामाद आशिल्ले आनी तत्कालीन सगळ्या ऋषीमदीं फामाद आशिल्ले आमगेले पूर्वज पितामह महर्षी जावचेपयलीं शिकारी समाजांतले आशिल्ले. पूण भगवंताचें तप करून तांणी श्रीरामायण बरोवन लोकांचेर उपकार केल्यात. इतलेंच न्हय तर तांणी लोकमाता सीतेकलेगीत आलाशिरो दिवन लव-कुशांकूय तांणी विद्यादान दिल्लें. अशेतरेन ते श्रीरामाच्या चल्यांचे गुरु आनी सीतेचे बापूय जाले. तांचे वंशज आमी. आमकां शिकारी ह्या हलक्या नांवान हेर जातींतले लोक आमचो अपमान करतात. पयलींच्या काळांत सगळे ऋषी-मुनी शिकारी जातींतलेच आशिल्ले. खरें पळोवपाक गेल्यार आमी ब्राह्मणूच. हे खेपो

जनगणनेच्या वेळार तुमी सगळ्यांनी आपली जात शिकाऱ्यांची सांगनासतना वाल्मिकी ब्राह्मण म्हूण सांगपाक जाय.

जय वाल्मिकी महर्षी. रामब्रह्म.'

हें पत्रक वाचून सत्याची उत्सुकताय वाडली. पयलीं ताका हांसपाक आयलें. मागीर परतें ताणें गंभिरतायेन वाचपाक सुरवात केली. दुसरो कागद घेवन तें वाचपाक लागलें.

'कालीदास म्हाकवीचो जयजयकार जावं.' अशी सुरवात केल्ल्या कागदाचेर चित्र नाशिल्लें. 'कालीदास हो आमगेलो विश्वनामनेचो कवी. सरस्वतीचे वरपुत्र आमी. हेर वयल्या जातींतल्या लोकांनी आमकां धनगर म्हूण बुद्दीन गाड मानून आमचीं फकाणां केल्यांत. खरें म्हणल्यार आमगेल्या पंथाचें नांव कालिदास पंथ.'

हे खेपो जनगणनेच्या वेळार कोणेय आपली जात धनगर म्हूण नोंद करिनासतना कालीदास पंथ म्हूण नोंद करची अशी विनवणी केल्ली.

'श्री विश्वकर्माय नमः' अशी सुरवात केल्लें हें तिसरें पत्रक आशिल्लें.

'ब्रह्माचो प्रतिस्पर्धी जावन श्री विश्वकर्माचार्य हाणें सृश्टीची निर्मणी केली ही गजाल फटीची आसा. परब्रह्मानूच विश्वकर्माचें रुप घेवन विश्वाची निर्मणी केली. तो ब्रह्मावतार नाशिल्लो जाल्यार हें विश्व आनी मनशांची निर्मणी जावची नाशिल्ली. तेखातीर तोच सगळे सृश्टीचो मूळ. आचार्य म्हणल्यार सगळ्या विद्यांचो गुरु असो ताचो अर्थ. वास्तविक पळोवपाक गेल्यार शृंगेरी मठाची स्थापणूक केल्ले शंकराचार्य लेगीत आमचेच. एकफावटी तुंगभद्रा न्हंयत न्हावन पादुका थंयच विसरून चलपाक लागले. कांय अंतर चलून ते शारदामातेच्या देवळांत गेले. पुजा आटपून ते भायर आयले तेन्ना तांगेले पांय भाजपाक लागले. लागसारूच कांय भुरगीं खेळटालीं. तांकां उलो मारून तांणी न्हंयचे देगेर दवरिल्ल्यो पादुका हाडपाक सांगल्यो. भुरगीं न्हंयेकडेन धांवलीं. तातुंतल्या एका ब्राह्मण भुरग्याच्या हातांत सांपडिल्ली पादुका ताणें माथ्यार दवरून हाडली. विश्वकर्मा समाजांतल्या भुरग्यांनी एकेकल्यान पांय मारून तांचेमेरेन हाडली. तें पळोवन शंकराचार्यांक तिडक मारली. तांणी म्हणलें, 'तुमगेल्या अहंकाराक हांव स्राप दितां. तुमी म्हजेच मनीस आसले तरी हाचेमुखार ह्या मठाचो कारभार तुमच्या हातांत उरचो ना. तेपरस दुसऱ्या मताच्या ब्राह्मणाकडेन हे अधिकार वचूं दी.' हें कळटकूच विश्वकर्मांतल्या जाणटेल्या मनशांनी तांकां लोटांगण घालून भगसणी मागली. तेन्ना तांणी एक हजार वर्सांनी तुमची स्रापांतल्यान मुक्तताय जातली अशें म्हणून ते हिमालयांत गेले. आतां हजार वर्सां जावन

गेलीं. आमी आमगेल्या हक्काखातीर झगडपाचो काळ येवन तेंकला. तें आसूं. ती विंगड गजाल.

'पूण आमकां लोक शेट म्हूण कमीपणान आमचें नांव घेतात तें ना करून उडोवपाक जाय. आतां येता ते जनगणनेंत तुमी सगळ्यानीं विश्वकर्मा ब्राह्मण म्हूण नांव बरोवपाक जाय. कोणेच शेट, आचारी अशें बरोवपाक जायना. वेवसाय ह्या माथाळ्याखाला 'विश्वकर्मा' अशें बरोवपाचें.' तो मागीर भांगरा-रुप्याचे दागिने करूं वो गळ्यांतलो हार करूं. अशें ताचें स्पश्टीकरण बरोवपाक जायना.

एकेक पत्रक वाचतना सत्याक इतिहासाचें नवें रूप दिसतालें. कांय खीण हेच कल्पनेंतल्यान वतकूच ताचें मन लोकांच्या युगांयुगांतल्या अपेक्षांचो आढावो घेवपाक गूंग जालें. चवथ्या पत्रकांतल्या वयल्या भागांत व्हडलें शंकराच्या लिंगाचें चित्र आशिल्लें. 'एकचारांत बळ आसता. एकवट आसल्यार कैलास आनी विघोडांत भव.' अशी सुरवात करून तें लिंगायत एकचाराबद्दल बरयिल्लें.

'भावांनो आनी भयणींनो, वेदापरसूय पुर्विल्ल्या अशा वीरशैव लिंगायत धर्माची स्थापना श्री बसवेश्वर हांणी केली अशें म्हणून आमगेल्या अतिप्राचीन धर्माक अर्विल्लो करपाचो येत्न हालींसरा करपाक लागल्यात. तेचबराबर आमचेभितर नोणब, बणजिग, बिळिमग्ग, शेट्टी, जंगम अशा नांवानी फूट घालपाचो येत्न करतात. सादूरकाय बाळगूंक जाय. एकवटाचो विजय जावं. आतां जाता ते जनगणनेंत जण एकल्यान आपली जात लिंगायत वा वीरशैव म्हूण नोंद करपाक जाय. पूण पोट जातीची नोंदणी करपाक जायना ही प्रार्थना.'

सत्यान उरिल्लीं पानां आरतीं-परतीं करून पळयलीं. ब्राह्मण कोणूय जावं फकत ब्राह्मण अशें सांगपाक जाय. ताच्यो पोटजाती सांगपाक जायना अशें निखिल कर्नाटक त्रिमत ब्राह्मण संघान सुचोवणी केल्या. पूण ताचेसकयल एक पत्रक आशिल्लें. तातूंत बरयिल्लें मंड्यम् हेब्बार, अशी उपशाखा आसल्यार लेगीत ती लावपाक जायना. श्रीवैष्णव इतलीच जात लावपाची. ताचे फाटोफाट मंत्रालय, उडुपि अशा उपपंथाचो उल्लेख करिनासतना फकत माध्व ब्राह्मण म्हूण उल्लेख करचो अशी सुचोवणी करपी एक पत्रक आशिल्लें. अशो वट्ट पंचवीस पत्रिका थंय आशिल्ल्यो. प्रत्येकाचे माथाळे वाचत सत्यान जयम्माक विचारलें 'खंयचीं हीं पत्रकां?'

'सॅन्सस चल्ला न्हय. फाटल्या म्हयन्याभरांत विंगविंगड गांवांतलीं मनशां येवन आपापले जातींतल्या लोकांक दिवन वतात. हांणी तातुंतलें एकेक पत्रक

आपल्याकडेन आसपाक जाय म्हूण एकेक घराकडेन हाडून मेजाच्या गवेतांत दवरल्यांत. वण्टी ह्या असल्या पत्रकांनी भरून गेल्यात त्यो तुवें पळयल्यो ना?'

'ना.'

'तकलेचेर सामान दवरून घेवन आयिल्ल्यान तुगेलें लक्ष हेवटेन-तेवटेन गेलें ना. हांगा दाराकडल्यान पळयल्यार तुका दिश्टी पडटलें.'

सत्यान दाराकडेन वचून भायर नदर मारली. पळयल्यार वणटीर सिनेमाच्यो जायराती लायतात तशो कितलींतरी विंगविंगड रंगाचीं पत्रकां दसयिल्लीं. 'उपजाती विसरात. वीरशैव म्हणात (लिंगायत)' 'शिकारी न्हय. वाल्मिकी ब्राह्मण', 'कालिदासाच्या पंथाचो विजय जावं' हे सारकेल्या पत्रकांनी गांवांतल्या घरांच्यो वणटी भरून गेल्ल्यो. म्हैसूरांत सदांच वाचनालयांत बसून वेळ सारिल्ल्यान आपल्याक हो विशय कळ्ळो ना हाचें सत्याक खूब वायट दिसलें. रोखडोच वेंकटेश घराकडेन आयलो. धाकटे भयणीची वासपूस केली. इतल्यांत पंदरा-वीस जणांचो एक पंगड ताका सोदत घराकडेन आयलो. ताका पळयतकूच तातुंतल्या एक-दोन जाणांनीं म्हणलें 'त्या मास्तराक धरून बडोवपाक जाय.'

'कितें जालें सायबा?'

'आमगेल्या जातींचीं नांवां आमी सांगतात तशीं बरय म्हणल्यार, 'सरकारी पद्धत तशी ना. थंय आसा तशेंच बरयतलों.' अशें सांगता. आमी सांगतात तशें बरयल्यार कितें तागेल्या बापायचो पोटलो वता?'

'तुवें कितें सांगलें ताका?' अशें वेंकटेशान तातुंतल्या एकल्या मनशाक उद्देशून म्हणलें.

'मेलुसक्करे अशें बरय म्हणल्यार, ना उप्पार अशेंच बरयतलों म्हणपाक लागलो. हो आमचे जातीचो अपमान जालो ना?'

'सामकें खरें.' मान हालयत वेंकटेशान म्हणलें.

'मागीर आतां आमी कितें करपाचें सांगात आमकां?'

'तुमी कितें करपाचें थारायलां?' वेंकटेशान विचारलें.

'हाणें गणटी बरयल्या ती चुकीची बरयल्या. तागेलें गणित कशेंय आसूं. गांवातल्या प्रत्येकाचो मान कितलो आसा हाचो सोक्षमोक्ष परां सांजवेळां व्हडल्या गौडान करपाचें थारायलां.'

'खरें आसा. हेंच योग्य जातलें.'

'फकत इतलेंच सांगून जावचें ना. त्यावेळार तुमी कायदेशीर कितें आसा तें सांगपाक जाय.'

'कायदेशीर म्हणल्यार?'

'त्यावेळार आमकां उप्पार म्हणपाक जायना. मेलुसक्करे म्हणपाक जाय. तुमी व्हडले पुरोयत तुमगेल्या उतराक सगळे मान दितात.'

'तुका मेलुसक्करे म्हणल्यार म्हाका सवायशेर साकर हाडून दितलो?'

'सवायशेर कित्याक? एक तोपभर दितां सायबा.'

'तशें जाल्यार जालें. आतां तुमी वचात. हांवें आजून कॉफी लेगीत घेतली ना.' अशें म्हणून वेंकटेशान तांकां धाडले.

'म्हैसूरांत कितें करतालें?' वेंकटेशान सत्याक विचारलें. पूण सत्यान ताका खरें कारण सांगलें ना. 'वाचनलयांत बसून मन भरून वाचलें.' अशें सांगलें. 'कवाथे सगळे लागले?' सत्यान विचारलें. 'एकफावटी तें म्हजेर सोंपयतकूच तुका ताचो कित्याक हुस्को?' अशें वेंकटेशान म्हणलें. तेन्नाच सत्याक भाटांत वचपाची उमळशीक लागली. 'पूण इतली कित्याक वचपाची ताकतिक?' अशें म्हणून वेंकटेशान ताका रावयलें. इतल्यांत शिकारी जातींतलो मल्लनायक आयलो. तो ते जातीचो मुखेली. फाटल्या धा वर्सांसावन ताणें मांसाहाराचो त्याग केला. कपलार बिबूत आनी माथ्याक धवोफुल्ल फेटो गुठलायिल्लो. साठ वर्सांच्या ह्या मल्लनायकाक सत्या पयलींसावन वळखतालें. येनाफुडें वेंकटेशाक आपोवन ताणें ल्हव आवाजांत सांगलें, 'यप्पा, परां तुवें आमकां वाऱ्यार सोडून वचपाक जायना.'

'म्हाका कितें कर म्हणटा?'

'आमी भिल्ल-शिकारी जातीचे न्हय. वाल्मिकी ब्राह्मण म्हूण शास्त्रांत बरयलां अशें तुवें सांगपाक जाय. तरूच व्हडले गौडा मान्यताय दितले.'

'जें ना तें हांव कशें सांगू. तूंच सांग मल्लनायक?'

एकाच चोम्यांतले मुखेली आसून लेगीत हो भुरगो आपल्याकडेन एकवचनान उलयता हें पळोवन जाण्टेल्याक राग आयलो. पूण आपल्या चोम्याचो निर्णय वेंकटेशाच्या हातांत आसा म्हूण ब्राह्मण चोम्याच्या ह्या मुखेल्याचो तेंको नाजाल्यार आपलें काम जावचें ना हाची पुराय जाणविकाय आशिल्ल्यान मल्लनायकान ताचेकडेन व्हडलेशें लक्ष दिलें ना. ताणें वेंकटेशाक विचारलें, 'म्हणल्यार आमचेपैकीं एकलो वाल्मिकी जालो हें फट म्हणपाचें?'

'लाखांनीं शिकाऱ्यांभितर एकलो वाल्मिकी जाल्यार तुमी सगळे तांगेले चले, नातरां, पण्टुरां कशे जातले? वाल्मिकी ऋषीक भुरगीं आशिल्लीं अशें रामायणांत बरयिल्लेंच ना.'

जाण्टेलो आतां त्रासांत पडिल्लेवरी जालो. परांचे सभेंत आमी शिकारी समाजाचेच उरले जाल्यार आमचो समाज सासणांचो हेरांच्या पायापोंदा चिड्डून वतलो. तेखातीर कितेंय करून अंदू वाल्मिकी ब्राह्मण म्हणोवन घेवंक जाय. जाण्टेल्यान विनवणी केली, 'कितेंय कर सायबा. तुवें इतलें धर्म-शास्त्र वाचलां. कितेंय करून सारकें सोदून काड.'

जाण्टेल्याचो आशय कितें हाचो अर्थ वेंकटेशाक पयलींच कळिल्लो. वेंकटेशान म्हणलें, 'फकत सोदून सापडचें ना. विंगड शास्त्र तयार करपाक जाय.'

'तशें जाल्यार तशें कर सायबा.'

'फकत हांवें शास्त्र तयार करून जावचें ना. मठाक शंबर रुपया दान दिल्यार ते मंत्र तयार करून दितात. ते मंत्र हाडून मागीर रामायणांत आसा अशें सांगपाक जाय.'

शंबर हो आंकडो आयकून जाण्टेलो फाटीं-फुडें विचार करपाक लागलो. तो म्हणपाक लागलो, 'शंबर रुपया खंयच्यान हाडपाचे?'

'खंयच्यान हाडटले अशें म्हणल्यार तुका मठांतले लोक आयकतात? नवें शास्त्र कितें फुकट जाता?'

मल्लनायकान विचार केलो. ताचे जातीचीं वट्ट वीस घरां आसात. भोंवतणच्या गांवांनी आनीक वीस-तीस आसतलीं. सगळ्यांनी वर्गणी काडून दिवंक जाय. आतां पयसो उबो केलो नाजाल्यार आपली किंमत उरची ना अशें ताणें मनांतल्या मनांत म्हणलें. 'फाल्यां सकाळीं सूर्य उदेवचे पयलींच एकठांय केल्ले पयशे हाडटां. पूण तुवें आमगेलें काम करपाकूच जाय.' अशें सांगून व्हडा समाधानान आनी उमेदीन थंयच्यान गेलो.

भितल्या दारांत काळखांत बसून सत्या भायलीं उलोवपां आनी थरपी वेव्हार आयकतालें. वेंकटेशाचे आशेक अंत ना. आतां आपणें कितेंय उलयल्यार तो तापतलो. हांव आतांच गांवात आयलां. कित्याक बेश्टींच झगडीं, अशें म्हणून ओग्गी बसलें. वेंकटेश रांदचे कुडींत गेलो. जयम्मान पेल्यांत घालून दिल्ले काफयेचो एक घोंट मारिल्लो, इतल्यांत धनगराचो मुखेली सौद्रेगौडान येवन वेंकटेशाक उलो मारलो. बेगबेगीन उरिल्ली कॉफी पिवन भायर येवन वेंकटेशान ताका येवकार दिलो. आनी एका साकाचेर बसपाक सांगलें.

तोवूय मल्लनायकावरीच काम घेवन आयिल्लो. मल्लनायकाक दिल्लें उतर आनी तेंच तंत्र वापरून वेंकटेशान ताचेकडेन चारशीं रुपयांची मागणी केली.

'पळय, भितर म्हगेल्या चल्याक बरें ना. अशें आसतना फाल्यां मठांत वचून येवपाक जातलें म्हज्यान?' वेंकटेशान म्हणलें.

'म्हजी अवस्था पळोवन मात्शें म्हगेलें काम करून यो सायबा' अशे सौद्रेगौडान म्हणलें.

'बरें, तुमी म्हणटात जाल्यार वतां. पूण वतना हातांत पयशे घेवनूच वचपाक जाय.'

'चारशीं-बिरशीं दिवपाक जावचें ना. शंबर रुपया रातीकडेन हाडून दितां. हांव ह्या कामाखातीर आयिल्लों म्हूण कोणाक सांगनाकात.' अशें सांगून वतना तो म्हणपाक लागलो, 'आमगेले जातीक कालीदास पंथ म्हणल्यार बरें काय दुदाचो पंथ म्हणल्यार बरें?' ही नविदाद ताणें विचारली.

'दुदाचो पंथ आनी धनगर पंथ दोनूय सारकेच. कालीदास पंथ म्हणल्यार वयले जातींत आयिल्लेवरी जालें ना?' अशें वेंकटेशान सुचयलें. आपल्या अर्थ नाशिल्ल्या प्रस्नाक आपूणच हांसून तो गेलो.

भितर बशिल्ल्या सत्याच्या रागाचो पारो सामको चडिल्लो. आपूण आपलें तोंड उक्तें केल्यार झगडीं जातलीं म्हूण तें आपल्याक सावरतालें. कांयवेळान सातानी जातीचे रामानुजय्य आयले. पुडवें, आंगार शाल, ब्राह्मणावरी शेंडी सोडून उरिल्लें तुकतुकीत माथें, दाव्या खांद्यार उठून दिसतलें अशी जानवें घालपाची तांची पद्दत. श्रीवैष्णव ब्राह्मणाभशेन दोन ठळक धव्यो रेगो आनी मदेंकात एक तांबडी रंगाची रेग आनी ताका नाकाच्या तेंबराकडेन धव्या रंगाचो पायो. आमी ब्राह्मणूच असो तांचो सदांचोच वाद. श्री रामानुजाचार्याचे वंशज आशिल्ल्याचो तांगेलो दावो. पूण म्हारापैकीं फकत वैष्णव पंथी आशिल्ले तेच ताका गुरू मानताले. तेखातीर असल्या लोकांक ब्राह्मण कशें म्हणपाचें? तातूंत आपूण हांगा येवन उलयतां हें कुप्पण्णयंगार पळयत हाचोय भंय आशिल्लो. तेखातीर 'मात्शें फाटलेवटेन वचून उलोवया?' अशें ताणें वेंकटेशाक म्हणलें.

'येयात, येयात. कॉफी घेतले?'

'हा, हा, हा' अशें हांसून, 'तातूंत व्हडलेंशें कांय ना. तशीं पयलींसावन म्हाका संवय ना. कृपा करून गैरसमज करून घेवंनाकात.' अशें म्हणून ताणें हात जोडले. वेंकटेशान तसो आग्रोय केलो ना. मागीर ताका गोठ्यांत घेवन गेलो. रामानुजय्यांची समस्या तकालस घेवपासारकी आशिल्ली. ते यज्ञोपवित घालताले. संध्या करताले. मांस खायनाशिल्ले. अनवाळें-बिनवाळें पाळटाले. पूण गांवकार ताका सातानी म्हणटाले. ब्राह्मण कोणूच म्हणिनासले. फाटीं एकफावट आपल्या नांवा मुखार अय्यंगार लावपाचोय तांणी येत्न केल्लो. पूण

थळावे वैष्णव ब्राह्मण एकठांय येवन हें प्रकरण तिरुमलेगौडामेरेन पावयलें. रामानुजय्यांच्या भाटांतले नाल्ल चोरपाक लावन हो येत्न फळादीक जावंक दिलो ना. हे फावटी जनगणनेंत ताणें आपली जात ब्राह्मण म्हूण सांगपाचो येत्न केल्लो. पूण नोंदणी करपी मास्तरान तांचीं नांवां सातानीच्या कॉलमांतूच बरयलीं. इतलेंच न्हय जाल्यार सेन्सस अधिकाऱ्याकडल्यान 'फट उलोवचें न्हय' अशी शिटकावणीय दिल्ली. परांचे सभेंत तरी आपल्याक ब्राह्मण म्हणचें अशी ताणें वेंकटेशाकडेन विनवणी केली.

'म्हजो कसलोच आक्षेप ना. पूण श्रीवैष्णव हाका विरोध करतात. तांचे आड हांवें कितेंय सांगल्यार म्हाका गल्लींत कशें रावपाक मेळटलें? कितें करतलो?' अशें वेंकटेशान सांगलें.

'श्री वैष्णवांचे बराबरीचे मानले ना जाल्यार लेगीत जाता. 'हेवूय एकेतरेचे ब्राह्मणूच आसात.' इतलें म्हणल्यार लेगीत जाता. ब्राह्मणांत हजारांनी पोटजाती नात? तातुंतली ही एक पोटजात मानात. सामकी निमाणी पोटजात म्हणल्यार लेगीत जाता. आमी काय तुमकां कोणाकूच आमगेर जेवपाक येयात म्हणचे नात. हांव तुमगेल्या घरातलें गंगोदक आफुडचों ना.'

'तें खरें. मागीर असो एकाद्रो शास्त्राधार म्हाका सांगतात?' अशें वेंकटेशान म्हणलें.

'म्हाका खबर ना. पूण आमी श्रीरामानुजाचार्याच्या कुळांतले आसात इतलेंच खबर आसा.'

'फकत तितलेंच सांगून कांयच जावपाचें ना.' अशें परतें वेंकटेशान म्हणलें.

'तुमीच खंयचो तरी आदार सोदून दियात. पांय पडटां तुमकां हांव.'

'आमगेल्या घरांत आशिल्ल्या शास्त्राच्या पुस्तकांत अशें कांयच दिल्लें ना. म्हैसूरांतल्या संस्कृत शाळेंतल्या ताडपत्रांतल्या संग्रहांत सोदपाक जाय. तेंवूय परां सांजवेळचेपयलीं. थंय गेल्यार थंयचे विद्वान दक्षणा मागतात.'

रामानुजय्यानीं पंचवीस रुपया दिवपाची तयारी दाखयली. पूण पंचवीस रुपयांत म्हैसूराक वचून येवप आनी थंय एक दीस रावप कशेंच परवडचेंना अशी वेंकटेशान परवड वाचतकूच ताणें आंकडो पन्नास रुपयांचेर हाडलो. वेंकटेशान म्हणलें, 'म्हैसूरांतले संस्कृत पंडित म्हणल्यार कितें दिसलें तुमकां?'

'हांवूय तुजेभाशेनूच गरीब ब्राह्मण' अशें रामानुजय्यान आपली परिस्थिती सांगली. शेवटाक शंबर रुपया हाडून दितां अशें उतर दिलें आनी तो कुप्पण्णय्यंगाराच्या भंयान फाटल्या दारांल्यान भायर सरून गेलो. ताका

पावोवन येतना मदल्या दाराफाटल्यान उबें आशिल्लें सत्याकडेन ताचें लक्ष गेलें. सगळीं संभाशणां तें लक्ष दिवन आयकता हें ताच्या लक्षांत आयलें. आयकल्यार आयकूंदी, म्हाका कितें अशें म्हणून ओग्गी रावलो.

त्या दिसा वेंकटेशाक मेळपाक वट्ट आठ जाण आयले. सत्यान केल्ल्या हिशोबाप्रमाण वेंकटेशान सयशीं पन्नास रुपया जोडिल्ले. सत्याक घुंवळ आयिल्लेवरी जालें. वेंकटेशाकडेन झगडपाइतली शक्त लेगीत आपल्या आंगात ना अशें ताका दिसपाक लागलें. रातीं जेवन न्हिदता म्हणल्यार इकरा वरां जाल्लीं. तितले म्हणसर वेंकटेशाक सगळ्यांकडल्यान पयशे आयिल्ले. उबाळाचे दीस आशिल्ल्यान नरसिंह पुरोयत वारांदांत न्हिदिल्लो. रांदचेकुडीचे मुखावयले कुडींत सत्या वासूक वांगडा घेवन न्हिदिल्लें. जयम्मा आनी ल्हान चलयेवांगडा वेंकटेश ताका तेंकून आशिल्ले ल्हानशेच कुडींत लोखंडा वारांवाच्या दारा पलतडीं न्हिदिल्लो. पोन्न्या काळांतल्यो मातयेच्यो वण्टी आनी दाराची चौकट आशिल्ल्यान कुडींत उलयिल्लें भायर आयकूंक येतालें. वेंकटेशान विचारलें, 'सत्या, फाल्यां सात- आठ संस्कृत श्लोक तयार करून दितां. ते व्याकरणाचे नदरेन सारके करून दी.'

तो कसले श्लोक रचतलो आनी तांचो कसो उपेग करतलो हें सत्याच्या लक्षांत आयिल्लें.

सत्यान रोखडीच जाप दिली 'श्लोकाचें व्याकरण सारकें करपाइतलें गिन्यान म्हजेकडेन ना.'

'तुवें कॉलेजींत ताचो अभ्यास केला. इतिहास विशयांत तुवें पोन्न्या ग्रंथाचें वाचन केलां म्हूण म्हणलें हांवें.'

सत्यान जाप दिली ना. एक मिनटान वेंकटेशानूच म्हणलें, 'शास्त्र नव्यान करप समा न्हय. इतिहासांत बदल करपाक जायना म्हूण अशें म्हणटा तूं?'

'इतलेंच न्हय. पयशे घेवन, नाशिल्ल्या शास्त्राक पुश्टी दिवपाक भायर सरला. तुगेल्या आशेखोरपणाक अंत आसा काय ना?' सांजवेळमेरेन कशेयभाशेन घुस्मटून दवरिल्लो राग आतां सत्यान भायर काडलो.

पूण वेंकटेशाक मातलेगीत राग आयलो ना. 'हातूंत आशेखोरपणा कसलीं? हे कितें आमगेल्याच गांवांत चल्लां? शिकाऱ्याक वाल्मिकी जावपाची इत्सा, धनगरांक कालीदास जावंक जाय, आचाऱ्याक विश्वकर्मा ब्राह्मण जावपाची इत्सा. असो येत्न सगळेकडेन चलत आसा. हेर गांवांनी अशे पयशे दितात काय कोण जाणा. पूण एक मात खरें. ते कितलेय उंचायेर येवन पावंदी, तरीलेगीत आमचेकडल्यान 'अस्तु' म्हणून घेतलेबगर तांकां ताचें समाधान

जायना. वसिष्ठाकडल्यान 'तुमीय ब्रह्मर्षी जाले, अस्तु.' अशें म्हणोवन घेवपाखातीर विश्वामित्रान कितें कमी येत्न केले? 'तुमीय ब्राह्मण, तुमी आमचे समान' अशें आमचेकडल्यान म्हणून घेवपाखातीर जायतें करपाक तयार आसता ही मंडळी.'

'तुका तशें म्हणपाक जाय जाल्यार म्हण. ह्या प्रपंचांत जल्मल्ले मनीसजीव सगळे ब्रह्माचे वंशज. 'शुद्ध आचरण दवरात. म्हणल्यार तुमीय ब्राह्मणूच जातले' अशें तांकां सांग, पयशे घेवन फटीची गवाय दिवपाचें उणाकपण कित्याक करता?' अशें सत्यान म्हणलें.

'पयशे कितें फुक्याक दितात? गरीब ब्राह्मण आशिल्ले जाल्यार एक आणो लेगीत दिवचे नाशिल्ले. हांव फकत ग्रामपुरोयत न्हय. तशी म्हजी परिस्थितीय बरी आसा. राजकारण करतां. भोंवतणच्या गांवांत म्हज्या उतराक मान आसा. ह्याच कारणांक लागून परांचे सभेंत म्हज्या तोंडांतल्यान भायर पडपी शब्द म्हणल्यार शंखातल्यान पडपी पवित्र उदक.'

'फकत तूं सांगता म्हूण सगळे मान्य करून घेतले?'

'जी जात बळिश्ट आसा, आनी जे जातीकडेन दुसऱ्यांक उदार दिवपाची आनी घेवपाची योग्यताय आसा तांणी वयलो दर्जो मागलो जाल्यार हेर सगळे मान्य करून घेतात. नाजाल्यार खोंटानीं मारतात.'

'ह्या वेव्हारांत तुवें कित्याक लांच खाली? ह्या पातकांच्या पयशांचेर जगपाची तुजेर पाळी आयल्या? तुका आसा तें पुरो ना?'

'खंयचो पातकाचो पयसो म्हणटा तूं? बापायच्या घरच्यान तिगेलो वांटो घेवन आयलों म्हूण तेंवूय पातक अशें म्हगेली बायलूय म्हणटा. हाका तूं पातक म्हणटा. म्हाका खंयची व्हडली संपत आसा म्हूण तूं समजलां? देवळाची जमीन आनीक चार-पांच वर्सांनी आमच्या हातांतल्यान वतली. मंत्री मेलगिरीगौडाचो प्लॅन कितें आसा तो खबर आसा? देवळाचे कमिटीचो अध्यक्ष आपूण नाजाल्यार आपलो बापूय आसपाक जाय. पूण पुरोयताची इनामाच्या रुपांत मेळिल्ली जमीन मात सरकाराक दिवपाक जाय. पुरोयताक पगार दिवपाचो. म्हयन्याक तीस नाजाल्यार चाळीस रूपया पगार. म्हणल्यार पुरोयतांनी सदचेवरी दळदिरेच आसपाक जाय. पुजा मात चालूच उरपाक जाय. हांव काय असलो पगार घेवंक गेलों ना न्हय? इनामाच्यो जमनी वतकूच म्हज्या हातांत कितें उरतलें? तेखातीर पयलींच फाल्यांचो सारको बरो विचार केलो ना जाल्यार म्हजी गत कितें जातली? म्हगेल्या भुरग्यांची गत कितें?'

सत्याक सट्‌करून जाप येवजली ना. सुमार एका मिनटान सत्यान म्हणलें. 'पयसो जोडपाक जाय. पूण अन्यायाचे वाटेन न्हय.'

'खंयचो न्याय आनी खंयचो अन्याय म्हणटा तूं? बशींच्यो सगळ्यो लायनी सरकाराच्योच जावंक जाय असो सरकारान हुकूम दिल्लो आसतना ताणें आपल्या चल्याक चार बशीच्यो लायनी, दोन ट्रक घेवन दिले हो खंयचो न्याय? पाचशीं माड, चल्याचो स्वताचो धंदो, आपल्याक एम्.एल्.ए. चो पगार मेळटा आसतना, बेट्टय्यान आपले चलयेक आपले जातीची स्कॉलरशीप घेवन दिली हो न्याय? आपापल्या मार्गान प्रत्येकान आपापलो सुवार्थ पळोवपाक जाय. जात म्हणल्यार कितें समजलां तूं? तावरेकेरे क्कामटिगरशेट्टी आसात न्हय, तांणी सगळ्यांनी, आपलें नांव बदलून गुप्त दवल्लां खंय. तावरेकेरेंतल्या बाजारांतले स्टेशनरी दुकानदार वर्धमानय्यांक वळखता न्हय? ताणें स्वताचें नांव व्ही. टी. जैन अशें दवरून घेतलां. एका म्हयन्या पयलींची गजाल ही. कित्याक खबर आसा? उत्तर भारतांतले गुप्ता, जैन ह्या आडनांवांची मनशां खूब गिरेस्त आसात खंय. आपूणय तांचेभाशेन आसां म्हूण दाखोवपाक. आतां ते सगळे ऑल इंडिया असोसिएशन करतात खंय. आमगेले मंत्रीय मेलगिरीगौडा मद्रासांतल्या तांगेल्या जातींतल्या मुखेल्याक धरून संघ तयार करपाच्या येत्नांत आसात. सकयल्या वाड्यावयलो लिंगायत गुरूबसप्पा हुबळी, धारवाड, सोलापूरांत वचून आयलो. तूं गेल्लें थंय इतिहासाचो अभ्यास करपाखातीर. हांगा कितें घडटा तें सारकें समजून घे.'

इतल्यांत कुडींतल्यान जयम्मान म्हणलें, 'कितलो वेळ जालो. गरजेभायर उलयत आसात. म्हाकाय न्हिदूंक दिनात.'

वेंकटेशान म्हऱ्यांत दवरिल्ली टॉर्च घेवन घडयाळ पळयली. रातीचीं सवायबारा जाल्लीं. 'वेळ जालो. फाल्यां सकाळीं खंयतरी वचपाक जाय आनी परां सकाळीं येवपाक जाय. आतां सांग, सुमार आठ श्लोक हांवूच तुका सांगतां. ते तपासून दिता काय ना?'

'तें काम हांव करचेंना' - सत्यान स्पश्ट सांगलें.

'तू करचेंना. घर विकून हेरांक उपकार करपी खंयचें. तावरेकेरेंत वचून विश्वेश्वरशास्त्रीक पांच रूपया दक्षणा आनी पानांविडो दिलो जाल्यार दोन मिणटांत तपासून दितात.'

'वेंकटेश हो अन्याय बऱ्याचो न्हय. आतांच जणएकल्याचे पयशे परते दी. नाजाल्यार परांचे सभेंत येवन खरी गजाल सांगून सोडटलें.'

'थंयच धरून खोंट घालतलों. हलकट, रांड.' वेंकटेश तिडकीन आइडलो. 'हांव कोण म्हूण समजलां तूं? जात, कूळ सोडून त्या शूद्राकडेन लग्न जावपाक गेल्लें तेन्ना आमचो अपमान केलो. अप्पाक पिशें लावन मारून उडयलो. आतां कसल्योय राटावळी करपाक आयल्यार केष्टूलाक धरून व्हाणांनीं बडयतलों.'

'पुरो, कितें उलयतात तुमी ह्या घरांतले चलयेक' अशें म्हणून जयम्मा मदीं आयली.

'तोंड धांपून ओग्गी राव. म्हाका शाणपण सांगूक येवंनाका. काय जाय एक खोंट.' अशें म्हूण जयम्माक धमकी दिली. सत्या कांयच उलयलें ना. वेंकटेशूय ओग्गी रावलो. पांच मिणटांनीं वेंकटेशानूच म्हणलें, 'हें फट म्हूण तूं कितें नविदाद सांगतलें? तें सगळ्यांक खबरूच आसा. पूण सगळ्यांक हीच फट मंत्रोक्त जाल्ली जाय. सभेक तांकां हांव जाय. पुरोयत. तुवें मदीं तोंड घाल्यार लेगीत कोणूच आयकून घेवचे नात.'

सत्या कांयच उलयलें ना. दोन मिणटांनीं तें उठलें आनी आपले कुडींतलो लापयांव पेटयलो आनी म्हणलें, 'जयम्मा, भाटांतल्या घराची चावी दी. म्हाका वचूंक जाय.'

जयम्मा भियेली. उठली, आनी आपूण न्हिदिल्ले कुडीचें दार उक्तें करून सत्याम्हऱ्यांत आयली आनी सत्याक विचारलें, 'सत्या, तांगेली तकली थाऱ्यार ना. आनी तुवें अशे तिडकीन मध्यान्नेर उठून भाटांत वचप न्हय.'

'त्या एकाच जाग्यार हांव शांततायेन रावंक शकतां, म्हाका जाय तसो योग्य विचार करपाक मेळटलो. ह्या गांवांत तसो विचार करूंक म्हाका शक्य जावचें ना.' अशें म्हणटना सत्याच्या दोळ्यांत दुकां भरून आयलीं.

'कित्याक रडटा? तुगेल्या भावाचो सभाव तुका खबर ना?' अशें म्हणून जयम्मान सत्याचो हात हातांत घेवन ताचें समाधान केलें.

'ताची एकल्याची चूक न्हय. सगळो गांवूच तसो आसा.' अशें म्हणून सत्यान आपल्या पदरान दोळे पुसले.

आपली धाकटी भयण रडटा हें वेंकटेशाच्या लक्षांत आयिल्लें. रडल्यार रडूंदी म्हूण एक मिनीट ओग्गी न्हिदलो. मागीर आपूण जावन भायर आयलो आनी म्हणपाक लागलो, 'खूब स्वाभिमान आसा. जाणा जावन कित्याक म्हाका राग हाडलो तुवें? बायलेन बायलमनशेभशेन वागपाक जाय. मोन्यांनी न्हीद. जाय जाल्यार फाल्यां सकाळीं गेल्यार जालें.' जयम्मान मागीर ताका हाताक धरून सकयल बसयलें.

## 4

हाचेवयल्यान धा मिणटां लेगीत वचूंक नासतलीं. इतल्यांत भायल्या दाराचेर कोणेतरी मारिल्ल्याचो आवाज आयकूंक आयलो. ताचे फाटोफाट नरसिंह पुरोयताचो, 'वेंकटेशमूर्ती' असो उलो मारिल्ल्याचो आवाज आयलो. ताणें वचून दार काडलें. बेट्टय्या आयिल्लो. हुमऱ्या भायर उबो राविल्ल्या बेट्टय्यान म्हणलें, 'मात्शें अर्जंट उलोवपाक जाय आशिल्लें.'

ताका भितर आपोवन बसोवपासारकें नाशिल्लें. तो आयिल्लो वेळ आनी उलोवपाचो सूर पळयल्यार गुपीत विशय म्हूण स्पश्ट जाणवतालें. 'फाटले वटेन येयात थंयच्यान' अशे वेंकटेशान कुरवेन सांगलें. तो टॉर्चीच्या उजवाडांतल्यान घराफाटल्यान गेलो. वेंकटेशूय दार बंद करून फाटलेवटेन गोठ्यांत गेलो. फाटलेवटेन गोरवांखातीर आनी हेर नोकरां खातीर दवरिल्लें दार उक्तें करून वेंकटेशान बेट्टय्याक भितर आपयलो. 'कांय हरकत ना येयात.' अशें म्हूण वेंकटेशान बेट्टय्याक गोठ्यांत व्हरून एका फातराचेर बसूंक सांगलें. आनी आपूण उमथें घाल्ल्या एका व्हडल्या पाटल्याचेर बसलो. बेट्टय्या सावकासायेन आपल्या विशयाचेर आयलो. 'परां सभा जातली न्हय, तातूंत तुमी आमगेल्या मनशांकडेन सारकें लक्ष दिवंक जाय.'

वेंकटेशाक अजाप दिसलें. हेवूय ब्राह्मण म्हूण म्हणोवन घेवंक सोदतात काय कितें? पुरायेन विशय कळ्ळेबगर उलोवप ताच्या सभावांत नाशिल्लें. एम्.एल्.ए. आशिल्ल्या कारणान ताका न्हयकार दिवपूय बरें दिसनाशिल्लें. तरिकूय वेंकटेशान म्हणलें, 'म्हाका कितें कर म्हणटा?'

'एके नदरेन पळोवपाक गेल्यार आमी ब्राह्मण देहांतल्यानूच जल्मल्ले. मागीर आमकां अशे अस्पृश्य कित्याक केले म्हूण कोण जाणा. तुमी ही खरी गजाल सभेंत सांगल्यार पुरो. तुमकां फट-बीट उलोवपाक लायना. आमकां अस्पृश्य म्हणूं नाकात. आमी गांवात, तुमगेल्या घरांत येवन विटाळ जावंक दिवचे नात. तुमगेले रांदचे कुडींत तर निखालस आमी येवचेनात.'

इतल्यात वेंकटेशाची नदर पेटो दवरिल्ल्या कुडीकडेन गेली. सत्या थंय उबें राविल्लें ताका दिश्टी पडलें. ही उलोवणीं चलतना सत्यान थंय आयिल्लें वेंकटेशाक आवडलें ना. बेट्टय्याक आपूण कितें सांगतलों, तो कितें विचारतलो ताचेर म्हजो निर्णय, विचार कसो जातलो कांयच खबर ना. पूण बेट्टय्याचे आनी सत्याचे बरे संबंद आसात. एकमेकांचेर विस्वासूय आसा. मदींच सत्या उलयलें जाल्यार चर्चेक खंयचें वळण मेळटलें हे सांगपाक जावचें

ना. असो विचार वेंकटेशाच्या मनांत सट्करून येवन गेलो. पूण बेट्टय्या मुखार तिडकून उलोवचें न्हय अशी वेव्हारीक जाण आशिल्ल्यान वेंकटेशान म्हणलें, 'खूब वेळ जाला. सत्या, तूं वचून न्हीद.'

बेट्टय्याचें लक्ष तेवटेन गेलें. सत्याक पळयतकूच तो म्हणपाक लागलो, 'येयात येयात. तुमी हांगा आसल्यार बरें जातलें. तुमी म्हैसूरांत गेल्लीं खंय. केन्ना वचून आयलीं?'

सत्या मुखार आयलें आनी हुमऱ्यार येवन बसलें. बेट्टय्याक आपूण आयिल्लें कळूंक जाय म्हूण तें थंय येवन उबें राविल्लें. आयच्या दिसा सांजवेळ सावन वट्ट आठ जाण आयिल्ल्या कारणाचो अदमास घेवन ह्या वेळार आयिल्लो बेट्टय्या लेगीत त्याच कामानिमतान आयला हाची जाणविकाय सत्याक जाली. आपूण तांच्या म्हऱ्यांत गेल्यार वेंकटेशाक राग येतलो हें खबर आसून लेगीत बेट्टय्याचें म्हणणें जाणून घेवपाची उत्सुकताय ताच्या मनांत आयली. तेखातीर आड रावन आयकुंचे परस मुखारूच उबें रावन आयकुपाची इत्सा आशिल्ल्यान वेंकटेशाचें लक्ष वतलें अशेतरेन तें उबें राविल्लें.

बेट्टय्यान म्हणलें, 'मादिग हें नांव ऋषी-आश्रमांतले एके चलयेच्या नांवावयल्यान आयलें. तुमकां हें खबर आसतलेंच.'

'पूण खंयच्याच धर्म-शास्त्रांत तशें बरयिल्लें ना.'

'ती खंयची कथा?' सत्यान विचारलें.

'तुमकां खबरूच ना?' बेट्टय्यान म्हणलें.

'ना. सांगात.' अशें सत्यान सांगलें.

'जमदग्नी ऋषींची बायल रेणुकादेवीची तकली परशुराम देवान कापली ती खबर आसा?'

'खबर आसा.'

''थंयच्यान आयल्या ही कथा. रेणुकादेवीची एक इश्टीण आशिल्ली. मातंगी तिचें नांव. जमदग्नी महर्षी सकाळीं पूजेक बसतना सदांच फांतोडेर ऋषीपत्नी गुंडळाचम न्हंयचेर वचून उदक हाडटाली, तेन्ना मातंगी तिचेवांगडा वताली. तीं गाडगे, कळसुल्यो घेवन वचनाशिल्ल्यो. पतिव्रता शक्तीन उदकाकूच कळसुलेचो आकार दिवन माथ्यार घेवन येताल्यो. हजार हातांच्या कार्तवीर्यार्जुनाक मळबांत पळोवन रेणुका देवीचें मन चंचल जालें. आनी आयदन नासतना उदकान आकार घेतलो ना. ऋषींक तें तपोबळान कळ्ळें. 'वचून तुगेले आवयक मारून उडय' आपलो चलो परशुरामदेवाक तांणी आज्ञा दिली. आनी तेप्रमाण परशुरामदेव न्हंयचे देगेर गेले. रेणुकादेवीच्या गळ्याचेर

नेम धरून तांणी बाण सोडलो. तिचे फाटल्यान उबी राविल्ली मातंगीचीय तकली धडावेगळी जाली. मागीर आज्ञेचें पालन केलें म्हूण बापायन चल्याक जाय तो वर मागपाक सांगलो. आनी तेप्रमाण चल्यान आवयक जिवी करपाक सांगलें. तेन्ना ऋषीन कमंडळुतलें उदक दिलें आनी 'आवयची तकली धडाचेर दवरून तें उदक शिंपडाय' अशें सांगलें. परशुरामदेवान थंय येवन पळयलें जाल्यार दोन तकल्यो, दोन कुडी पडल्यात. दोनूय तकल्यो दोनूय धडांचेर दवरून ताचेर उदक शिपडायलें आनी दोगांकूय जिवीं करून आश्रमांत घेवन आयलो. तितले म्हणसर दीस उजवाडलो. तेन्ना उजवाडांत तकल्यो एकमेकांक लागिल्ल्यो दिश्टी पडल्यो. मातंगीची तकली रेणुकादेवीचे धडाचेर आनी रेणुकादेवीची तकली मातंगीचे धडाचेर. हे चुकीक कितें करपाचें? परत्यो सारक्यो करपाक जाय जाल्यार आनीक एक फावटी दोगांयच्यो तकल्यो कापच्यो पडटल्यो. परतीय पातकी करणी करची पडटली म्हूण परशुरामदेवान बापायमुखार साश्टांग नमस्कार घालो आनी प्रार्थना केली. तेन्ना ऋषीन रेणुकादेवीची तकली आनी मातंगीचें धड आशिल्ले कुडीचो बायल म्हूण स्विकार केलो. म्हणल्यार मातंगीची कूड ऋषीपत्नीची. जमदग्नी महर्षींचे बायलेची कूड आनी आश्रमांतले ऋषीकन्येची - मातंगीची तकली. आमी असले बायलेचीं भुरगीं अकस्मात अस्पृश्य कशीं जालीं?'

सत्या व्हडा उमेदीन ही कथा आयकतालें. असल्यो कथा आयकतना सत्याक सदांच खूब हांसो येतालो. प्रत्येक व्यक्ती आपली जात आनी ताचें मूळ एकाद्री पुराणांतली म्हान व्यक्ती वा म्हान घडणुकेकडेन जोडपाचो येत्न करता हाची सत्याक नविदाद कशी दिसनाशिल्ली. पूण ही कथा ताका खबर नाशिल्ली. वेंकटेशान विचारलें, 'तुमी सांगल्या ती कथा खरी. पूण मातंगी चामड्याचें काम करपी बायल. म्हणल्यार मुळांत ती अस्पृश्यूच आशिल्ली. रेणुका देवीचे कुडीक चिकटायली तरी तकली तीच उरली ना? मनशाची जात तकलेन थारावंक जाता काय कुडीन?'

आपणें मारिल्ली फट भायर सरिल्ल्यान बेट्टय्याक वायट दिसलें आनी लजूय जाली. मातंगी चामड्याचें काम करताली हें बेट्टय्याक खबर नाशिल्लें अशें न्हय. ताणें मुद्दाम हेविशीं अज्ञान पांगुरिल्लें. हो वेंकटेशप्पा म्हणल्यार खूब मुत्सद्दी आनी हुशार मनीस. हाका खबर नाशिल्लें एकूय शास्त्र ना. अशें म्हूण बेट्टय्या मुखार म्हणूंक लागलो, 'प्रत्येक पुस्तकांत विंगविंगड बरयिल्लें आसा. हांवें वाचिल्ल्या पुस्तकांत अशें आशिल्लें.'

'तें पुस्तक मात्शें हाडून दिवशात?'

बेट्टय्या दुसरेफावटी कातरेंत सांपडलो. फट उलोवन तातुंतल्यान पळवाट काडपाची संवय बेट्टय्याक नाशिल्ल्यान ताका अपमान कसो जालो. बुद्द मंदावल्यावरी जाली. हाचेमागीर बेट्टय्या कितें म्हणटलो हाचो हिशोब लायत वेंकटेशान आपली बसपाची तरा बदल्ली आनी पांयाचेर पांय घालून बसलो. 'शास्त्रांत कितेंय आसूं दी. आमी अस्पृश्य हें खत आमकां लागलां तें कशेयभशेन तुमी परांचे सभेंत पुसून उडयात. मातंगी ऋषीआश्रमांत रावताली. ऋषीबायलेवांगडा न्हंयचेर वताली. ऋषी-बायलेचीच कूड तिगेली कूड जाली. ती अस्पृश्य नाशिल्ली अशें म्हणपापुरते तुमचेकडेन मुद्दे नात? ताचेमागीर तुमीच मुखार उलयात.'

'कितलेय जाले तरी तुमी एम्.एल्.ए. आमगेलीं कसलींय कामां आसलीं जाल्यार तुमीच करून दितले. तेखातीर तुमकां ना कशें म्हणपाक जाता?' वेंकटेशान प्रस्तावना केली.

'म्हज्या हातांत खंयचींय कामां जावपासारकीं आसल्यार हांव केन्नाच ना म्हणचो ना.' अशें बेट्टय्यान उतर दिलें.

'तुमी आमगेलें काम केलें जाल्यारूच हांव तुमगेलें काम करतलों अशें काय ना. हें काम जावं नाजाल्यार जावंनाका. तुमी करूनच दितले अशी म्हाका आस्त आसा. तुमी करून दियात नाजाल्यार नाका, हांव तुमकां मजत करतलोंच' अशें बेट्टय्यान म्हणलें. 'आमगेले दोगांयचे संबंद बरे आसात. पूण सभेंत लोकांनी मान्य करपाक जाय. म्हज्या शब्दाक किंमत येवंक जाय.'

'मान्य करतले अशेचतरेन तुमी उलोवंक जाय.' अशें बेट्टय्यान आग्रो करून म्हणलें.

इतलो वेळ मोन्यानी बसून आयकून सत्याक वाज आयलो. बेट्टय्याविशीं सत्याच्या मनांत आदर आशिल्लो. चड बुदवंत नासलो तरी गांधीजींच्या आश्रमांत रावन आयिल्लो. समजिकायेन वागपी म्हूण तांचेविशीं सत्याच्या मनांत आदराची भावना आशिल्ली. संयम, सौजन्य, हेर गुणांनी परिपूर्ण आशिल्ल्यान आपली इस्टेट आनी आमदारकी हाणें तो गर्विश्ट जावंक नाशिल्लो. पूण आयज हेर समाज-मुखेल्यांभशेन हांगा येवन ताणें हापशीपणा दाखयलो तें पळोवन सत्याक ताची काकुळट दिसली. मनांत तयार जावंक सोदपी सूक्ष्म तिरस्काराक चिड्डून उडोवपाचो येत्न करून सत्यान विचारलें, 'बेट्टय्या, तुमगेलो ह्या कथांचेर विस्वास आसा?'

ह्या प्रश्नान तो गडबडलो. कितें जाप दिवपाची? विस्वास दवरपाचो काय ना? विस्वास दवरता म्हणल्यार हें चली मुखार कितें विचारतलें म्हूण कोण

जाणा! हाचो तर कित्याचेरूच विस्वास नासो दिसता. मीरा सांगत आसता सत्याचे कितलेतरी विचार. पूण आपणे विस्वास ना अशें म्हणलें जाल्यार तें म्हणटलें, 'मागीर ही कथा कित्याक वाडयता?' मात्सो विचार करून बेट्टय्यान म्हणलें, 'कथा खरी काय फट ही विंगड गजाल. कथा म्हणल्यार शास्त्र आनी शास्त्र म्हणल्यार कथा. शास्त्रांत अशें आसा म्हूण सांगलें जाल्यार लोक रोखडेच विस्वास दवरतले. हें सोपें जालें ना?'

'कथेच्या आदाराचेर निर्माण केल्ल्या शास्त्रांक नितीची बुनयाद आसना. हें बरें, हें चूक, हें म्हणप नितीच्या कसाचेर घांसून पळोवपाक जाय. लोकांक शिकोवपाक जाय. मनशां-मनशांमदीं भेद करपाक जायना. सगळ्या मनशांच्या आंगांत रगतूच आसता. ह्यो गजाली सगळ्यांक समजावन सांगपाक जाय. तें सोडून फटीचे कथेक आनीक फटींगपणाची भर घालून आपल्या लोकांचें कल्याण करपाची तजवीज कित्याक करपाक वतात? एक तर गांवातल्या लोकांमदीं खरे नितीची जाणविकाय वाडयात. नाजाल्यार तुमी आमकां समान मानले ना जाल्यार तुमचीं घरां लासून उडयतले, तुमचो खून करतले अशी भिरांत दाखोवन समानता संपादन करून घेयात. कथामार्ग आपणावपाची गरज ना.'

'घरां लासून उडोवपाचीं? खून करपाचो? अहिंसा, महात्मा गांधीन म्हणिल्लें...' अशें म्हणटना ताचें उलोवप मदींच थांबोवन सत्या मुखार उलयलें 'फटीची कथा घडोवन त्या आदाराचेर कल्याण करपापरस हिंसेचो आदार घेवन करप चड बरें.' सत्यान म्हणलें, 'म्हज्या मताप्रमाण तुमी परांचे सभेंत वचनासतना रावप होच तुमचो मान.'

'सत्या, तूं भितर वचून मोन्यांनी न्हीद पळोवया.' वेंकटेशान मदींच तोंड घालें.

'म्हाका तुगेल्या उलोवण्याचो अर्थ कळटा. हांव मदीं उलोवचें ना. तुगेल्या वेव्हारांत तोंड घालून झगडीं करपाक म्हाका मात लेगीत इत्सा ना. म्हाका बेट्टय्याविशीं आदर आसा. तो आदर तांणी राखून दवरचो अशी म्हजी इत्सा आसा म्हूण हांव आयिल्लें' - अशें सांगून सत्या सट्करून भितर आयलें.

तितले म्हणसर जयम्माक न्हीद लागली. आनी सत्याक त्याच खिणांत भाटांत वचचेंशें दिसलें. पूण रातीचीं दोन वरां जाल्लीं. सत्याकूय न्हीद येवपाक लागिल्ली आनी आंगूय जड जाल्लें. हांतुणाचेर लोळत आडवो न्हिदिल्ल्या वासूक सारको न्हिदोवन लापयांव पालोवन तें न्हिदलें. फाटलेवटेन गोठ्यांत ते दोगूय

आनिकूय उलयत आशिल्ले. सत्याक मनांतल्यान बेट्टटय्याविशीं काकुळट दिसताली. मात्शा वेळान सत्याक न्हीद लागली.

ताका उठ्ठा म्हणल्यार सकाळचीं आठ वरां जाल्लीं. तोंड धुवन जयम्मान दिल्ली कॉफी पितना सत्यान विचारलें, 'वेंकटेश खंय आसा?'

'खंयचेकडेन वता म्हूण कांयच सांगलें ना. कोणेय विचारल्यार गांवात ना अशें सांग म्हूण हातांत चामड्याची बॅग घेवन गेलो.'

हातांतलो पेलो सकयल दवरून सत्यान म्हणलें, 'आतां हांव भाटांत वता.'

'थंय कित्याक वता. भितर सगळी धूळ भरिल्ली आसतली.'

'केन्नाय गेल्यार धूळ काडून, सान्न मारून, पुसून घेवपाकूच जाय. इतले दीस कुलपूच आशिल्लें न्हय. वेंकटेशान भितर पळयलां काय कोण जाणा! आनी भितर तशो किंमती वस्तू कसल्योच ना. पूण चोरी जाल्या काय ना तें पळोवपाक जाय.'

'चोरी कशी जातली? थंय खंय अप्पाचें भूत भोंवत आसता रातूयभर. ब्रह्मराकेसाचो संचार आसा म्हूण गांवातले लोकूय थंय वचपाक भियेतात.'

'कोणे पळयलां खंय भूताक?'

उलोवपाचो आवाज ल्हव करून आपलें तोंड सत्याच्या कानाकडेन व्हरून जयम्मान सांगलें, 'राती वेळार कोणूय चोरी करतले म्हूण तुगेल्या भावानूच गांवांतल्या चार जाणांक तशें सांगलें. आतां हेरांच्या भाटांतले नाल्ल चोरून व्हेल्यात खंय. आमच्या भाटांतलें एक चुडीत लेगीत हालना.'

सदचेवरी फटीचे गजालीचेर भंय आनी भंयाचेर निती तिगून उरता अशें सत्यान म्हणलें. अशी फट मारिनासतना चोरी थांबोवपाक जायना? हाचेर तें विचार करपाक लागलें. कशी थांबोवपाची ह्या प्रस्नाक योग्य ती जाप मेळ्ळी ना तरिकूय अशा प्रकारान निती वाडची ना इतलें तरी तागेली अंतर्प्रज्ञा सांगताली.

त्या दिसा दनपारचें आपल्याक जेवण धाड म्हूण सांगून तें चावी घेवन, आपली पोटली उखलून माथ्यार दवरून आनी पोती हातांत घेवन भाटांतल्या घरांत गेलें.

## 5

कवाथे बरे लागिल्ले. आतां दुसरें कांयच काम करूंक जायना. म्हैसूरांतल्यान नोटस् भरपूर काडून हाडल्यात. एका जाग्यार बसून बरोवन

काडपाचें कामूच फकत उरिल्लें. धा-पंदरा दिसांभितर बरोवन दिवपाक जाय. आतां सुटयोय आयल्यात. मीरा गांवात आयलां आसतलें. ताका पक्कें लिखाण करपाक सांगून तुमकूरांत धाडपाक जाय. मोहनदासान जें बरयिल्लें आसतलें तेंवूय तपासून पळोवपाक जाय. असो सत्यान निश्चेव केलो. मोहनदासाचे यादीसरशीं सत्याक बेट्टय्यांचीय याद जाली. ताचे फाटोफाट मोहनदासाविशीं मात आदर दिसूंक लागलो. तुमकूरांत गेल्लें तेन्ना मोहनदासान आपल्या अप्पाच्या संबंदांत जे अनुद्गार काडिल्ले ते सत्याक आवडूंक नाशिल्ले. पूण आतां सत्याक त्या उतरांक मान दिवचो अशें दिसपाक लागलें. जाता तितले बेगीन लिखाण करपाचें. काम करपाक जाय म्हूण सत्यान घरांत सान्न मारून, निवळ करून लिखाणाची तयारी केली.

दुसऱ्या दिसा फांतोडेर तीन वरांमेरेन ताणें बरयलें. रांदून दवरून, मात्शें न्हिदून उठून, जेवण करून परतें बरोवपाक बसलें. साडेतीन वरांच्या सुमाराक खंयच्यान तरी पयसुल्ल्यान लोकांचो कुलकुलाट आयकूंक येवंक लागलो. हो कसलो बोवाळ म्हूण सत्यान भायर येवन पळयलें. कोणूच दिश्टी पडलो ना. भाटाचे वंयेमेरेन सत्यान वचून पळयलें. देवळाचे दिकेन लोकांचो जमो वतालो. सत्याक याद जाली. गावांतल्या सगळ्या जातींचें स्थान निश्चित करपाची सभा आयज भरपाची आसा म्हूण. मनांत तिरस्काराचें ल्हार खतखतून आयलें तरिकूय तें परतें बरोवपाक बसलें. पूण पयलींचेवरी बरोवपाक एकाग्रताय येना जाली. थंय कितें घडटा तें पळोवन येवचेशें दिसलें. थंय प्रत्यक्षांत इतिहासूच चल्ला. तें सोडून हांव, हाताक लागपाचो न्हय असलो फाटलो इतिहास बरयतां. प्रत्यक्ष सत घडणुकेची प्रखरता ना जाल्यार म्हगेल्या लिखाणाक कांयच अर्थ ना. सभा पळोवन येतकूच हें पुस्तक चड अर्थपूर्ण जातलें अशें सत्याक दिसलें. पेनाचें धांपणे घालून तें उठलें. पांयात व्हाणो घालून, दाराक कुलप घालून, वंयेचे दार बंद करून सत्या शेताच्या बांदावयल्यान देवळाकडेन गेलें.

थंय लोकांच्या जम्यांक जात्रेचें रूप आयिल्लें. देवळाच्या आंगणातूच न्हय, तर लागसारच्या बांदाचेर, शेताबांदाचेर बायलो-भुरगीं आनी दादले एकठांय जाल्ले. खूब दादल्यानीं सिनेमांनी जायरात करतात तशीं पोस्टर्स पत्र्याचेर लावन वयर धरिल्लें. गांवांत वणटीचेर दसयिल्लीं 'उप्पार न्हय, मेलुसक्करे', 'धनगर न्हय, कालिदास', 'शिकारी न्हय, वाल्मिकी ब्राह्मण', 'पोटजाती नाकात. वीरशैव वा लिंगायत.' अशे तरेच्यो घोशणा त्या पोस्टरांत स्पश्ट दिसून येताल्यो. सत्या बायलांच्या पंगडात भरसलें. फकत तिरुमलापूरांतलेच न्हय तर शेजाराच्या गांवांतलेय लोक आयल्यात असो सत्याक भास जातालो. ब्राह्मणांच्यो बायलो

एक स्वतंत्र पंगड करून बशिल्ल्यो. ब्राह्मण दादले आपआपल्या उप-पंथाप्रमाण विंगविंगड पंगड करून तेंकून तेंकून बशिल्ले. तांच्या शेजरा लिंगायतांचो पंगड. तांगेले ते विंगविंगड पंगड पळोवन, तांगेल्या सामाजिक स्थानांचो निर्णय पयलींच जाला अशें स्पश्ट दिसून येतालें. राजा तिरुमलेगौडा बसपाच्या जाग्याचे दावेवाटेन लिंगायत आनी उजवेवाटेन ब्राह्मण. देंवतेर मात्शे सकयले वाटेन शेतकार-रयत तातुंतले उपजातीप्रमाण त्या क्रमान बशिल्ले. सामक्या भायल्या शेता-बांदाचेर हरिजन बशिल्ले. तेवूय दावे-उजवे असो पंगड करून एकमेकांक आफुडपाक जायना अशेतरेन बशिल्ले.

देवळालागीं मात्शे उंच सुवातेर बसपाखातीर मोव आसन आनी तेंकून बसपाखातीर लोड दवरिल्लें. आसनाचेर कृष्णाजिन हातुळिल्लें. शेजराच एक ल्हानशेंच लोड. 'आतां कार्यावळ सुरू जातली. सगळे शांततायेन बसात.' अशें वेंकटेशान थंय आसन घाल्लेकडेन येवन सांगलें. देवळाचे घांटीचो आवाज आयकूंक आयलो. नरसिंह पुरोयत भितर मंगळारत दाखोवन तबकडी उंचायेकडेन घेवन आयलो आनी वयर धरली. सगळ्या लोकांनी बशिल्ले कडल्यानूच हात वयर करून मंगळारतीचो स्विकार केलो. इतल्यांत वेंकटेशान उबो रावन म्हणलें, 'आतां गांवचे गौडा सभाध्यक्ष म्हूण येतात.' व्हडले पटेल तिरुमलेगौडा कृष्णाजिनाचेर येवन बसले आनी लोडाक तेंकले. जरीचें - कलापतीचें पुडवें, रेशमी शर्ट आनी ताचेर कलाकुसर केल्ली काश्मिरी शाल पांगुरिल्ली. शेतकाराचे एके बायलेन रोखडेंच दुसरेच्या कानांत सांगलें 'नातवाच्या लग्नांत मंड्याच्या सोयऱ्यांनी दिल्ली शाल.' हें सत्यान आयकलें. त्याच दिसा खाड केल्लेवरी दिसपी चेहऱ्याचेर धव्योफुल्ल मिश्यो, कपलाचेर कुकमाचो तिबो तकलेर चार पदरी जरीचो फेटो, उजव्या हाताच्या बोटाक तांबड्या खड्याची मुदी, मनगटाचेर उठून दिसपी बोटाचे दाटायेचो कडो. दाव्या हाताच्या तीन बोटांक धव्योफुल्ल खड्यांच्यो मुदयो लिकलिकताल्यो. 'गौडा सारके म्हाराजावरी दिसतात न्हय?' अशें सगळे लोक फुतफुतताले.

जरतारी पुडवें, सिल्काचो शर्ट, वयर रेशमी उपरणें आनी दाव्या हातांत भांगराची सरपळी आशिल्लें घडयाळ घालून वेंकटेश झेतांत आशिल्लो. सात-आठ ताडपत्रांमेळून बांदिल्लो गठ्ठो, दोन छापिल्लीं पुस्तकां आनी कांय हातबरपाचे कागद शेजरा दवरून बैठकी म्हऱ्यांत उबो रावन म्हणूंक लागलो. 'गांवांतल्या भावांनू, आमी सगळे हांगा श्री श्रीनिवासाच्या मुखार कित्याक जमल्यात हें तुमकां खबरूच आसा. जातीमताच्या विशयाक लागून मारामारी करप आमकां सोबना.

ब्राह्मणोस्य मुखमासीत् । बाहू राजन्यः कृतः ।

ऊरू तदस्य यव्दैश्यः । पद्भ्यां शूद्रोऽजायत ।

अशें वेदांत सांगलां. तेचभाशेन सगळ्या पंथांच्या स्थानाचो हे सभेंत निर्णय जावंक जाय. एकेकल्याक हांवें उलो मारतकूच त्या समाजाच्या मुखेल्यान उबो रावन आपापल्या मताप्रमाण पंथाच्या स्थानाविशीं विवरण दिवपाक जाय. ताका धर्मशास्त्राचो कसलो तरी आदार आसा काय ना हें पळोवपाखातीर हांवें हांगा पुरातन ग्रंथ आनी हातबरपां हाडल्यांत. न्याय तो न्याय. शास्त्राच्या आदाराबगर कित्याचोय निर्णय घेवंक मेळचो ना. कोणाचेरूच अन्याय जावंक जायना.'

तागेलें वाक्य मदींच थांबोवन, राजाच्या आसनाचेर बशिल्लेवरी व्हडलो पटेल म्हणूंक लागलो 'हें सॅन्सस आयलां म्हूण हो सगळो बोवाळ जाला. फाटीं एकफावट सॅन्सस जाल्लें तेन्नालेगीत अशेंच जाल्लें. सगळ्यांनी आपापल्या पंथाप्रमाण वागूंक जाय. नाजाल्यार पावस-पीक कशें येतलें? यंग्टेश शास्त्रांत कितें आसा तें सांगतलो. म्हजेंय आतां वय जालां. हे म्हाका आनी कित्याक आपयतात? राजर्षीवरी देवाचें ध्यान करत बसतां म्हणल्यार मुखेली आयकनात. आपोवन हाडून म्हाका हांगा बसयला. असल्या कामाखातीर म्हज्या चल्यान येवंक जाय आशिल्लें. ताकाय बेंगळूरांत खूब काम आसा. दिवाणकी म्हणल्यार आनी कांयच विचारपाचें ना! आदल्या काळावरी ना. एकूण कितें, सगळ्यांनी आपापलो अहवाल सांगतकूच आमी कोणाचेरूच अन्याय जावंचो नात हाची पळोवणी करतले. पयलींसावन तिरुमलापूराच्या संस्थानाचेर राज्य केल्लें घराणें हें! जेमेरेन आमगेल्या वंशातलो दादलो मनीस आसा, कोणाचेरूच आमी अन्याय जावंक दिवचे नात.

वेंकटेशान कितेंय म्हणचे पयलींच बणजिग शांतप्पा शेट्ट उठून उबो रावलो आनी सांगपाक लागलो, 'पयलीं आमगेलें काम करून सोंपोवया. दुकानाचें सामान हाडपाखातीर म्हाका मोटार करून तिपटूराक वचपाक जाय. आमगेले मुखेली त्वाटप्पण्णा गांवांत नात. चलयेक कित्याक भुरगीं जालीं ना म्हूण शास्त्र विचारूंक ते बळ्ळारी गांवांत गेल्यात. ते आशिल्ले जाल्यार वेवस्थीत शास्त्राचो आदार घेवन उलयतले आशिल्ले. म्हाका तितलें समजना. म्हाका इतलेंच सांगपाचें आसा, ब्राह्मण तकलेंतल्यान जल्मल्यात. क्षत्रिय हातांतल्यान जल्मल्यात, वैश्य पोटांतल्यान जल्मल्यात आनी शूद्र पांयांतल्यान जल्मल्यात अशें वेंकटेश पुरोयतान सांगलें ताचेकडेन आमचो कांयच संबंद ना. विष्णूची पूजा करपी अशें म्हणटात आसतीय. आमी लिंगायत. लिंगाक

तकलीय ना आनी पांयूय ना. हात तर निखालस ना. लिंग आनी लिंगपीठ इतलेंच आसता. तेखातीर हो फरक फटींचो. लिंग एकूच आसा. लिंगायत सगळे एकूच. आपआपसांत आमी असो भेद करचो न्हय. आमी ब्राह्मणापरस श्रेष्ठ काय कनिष्ठ असो कोणेय प्रस्न विचारलो जाल्यार आमीच श्रेश्ठ'

'अशें कशें म्हणटात तुमी?' वेंकटेशान मदींच विचारलें.

'हांवें पयलींच सांगिल्लें न्हय तुमकां. आमगेले त्वाटप्पण्णा आशिल्ले जाल्यार वेवस्थीत जाप दितले आशिल्ले. म्हाका तातुंतलें कांयच खबर ना. लिंगापरस व्हडलो देव खंयचोच ना. असलें लिंग आमचे छातयेर आसतना आमचेपरस कोणूच श्रेश्ठ न्हय.' तागेलें वाक्य अर्दार तोडून श्रीवैष्णवापैकीं गरुडैय्यंगार उबो रावन म्हणूंक लागलो, 'लिंगापरस व्हड देव ना हें म्हणप फट. सामके सुरवेकूच श्रीमन्महाविष्णू...' अशी सुरवात करचे पयलीं वेंकटेशान उबो रावन म्हणलें, 'हो वाद सुरू जाल्यार बेगीन सोंपचो ना. आजूनमेरेन कितलेश्याच पंथाचो विचार जावपाचो आसा. तेभायर शांतप्पाशेट्ट सामान हाडूंक तिपटूरांत गेल्यात. ताकाय कळाव जातलो. खरें न्हय शेटजी?' त्या उतराक शेटजीन म्हणलें, 'यंगटेश पुरोयताक वेव्हाराची म्हायती आसा. म्हाका वेळ जाता.' अशें म्हूण सभेंतल्यान शेटजी उठून गेलो. गरूडैय्यंगाराचे भोंवतणीं मात्शी फुतफूत जाली. 'हे बिबूत फासपी स्मार्त आनी लिंगायत भितरले भितर एकूच आसात.' अशें कुप्पण्णय्यंगारान ल्हवूच म्हणटकूच राजय्यंगारानी म्हणलें, 'तो प्रस्न न्हय. हे शुद्ध विष्णूचें देवूळ म्हूण सिद्ध जाल्यार पुजेचें कशेय भाशेन आमच्या मनशांच्या हातांत येतलें म्हूण वेंकटेशाचे डावपेंच चल्ल्यात. जुस्त कोल्याची बुद्द ताची'. इतले म्हणसर सभा परती सुरू जाली.

सगळ्यांत पयलीं वाल्मिकी ब्राह्मण जावपाची इत्सा बाळगुपी शिकारी जातीचो मुखेली मल्लनायक उठून उबो रावलो. ताका लागसारको वेंकटेशान एक श्लोक म्हणलो आनी सांगलें, 'तांणी स्वताक वाल्मिकी म्हणपाक जाता पूण ब्राह्मण न्हय.'

'म्हणल्यार वाल्मिकी ऋषी ब्राह्मण न्हय?' मल्लनायकान विचारलें.

वेंकटेशान म्हणलें 'आतां कोण कोण कसलीं नांवां मागतात तें थारावं दी. मागीर कोणाक ब्राह्मण म्हणपाचे आनी कोणाक खंयच्या पांवड्यावयले ब्राह्मण म्हणपाचे ताचो निर्णय ही सभा मागीर दितली. विश्वकर्मा, सातानी, कालिदास अशा कितलेशाच पंथांचे मूळपुरुस ब्राह्मणूच आशिल्ले. आतां सौद्रेगौडानीं उबे रावंक जाय.'

आपल्या पंथाची सारकी विस्कटावणी जालीना म्हूण मल्लनायकाक तिडक मारली. पूण ताचो पुराय निर्णय निमाणे दितले अशें म्हणटकूच तो ओग्गी रावलो.

हो इतिहास पळोवंक गुल्ल जाल्लें सत्याचें मन हजारांनीं वर्सांच्या विशाळतायेकडेन गेलें. साडे तीन म्हयने वाचनालयांतले ग्रंथ वाचतना जें चित्र दोळ्यांमुखार येतालें तेंच परतें येवंक लागलें. ब्राह्मण जावपाची सगळ्यांची इत्सा. ब्राह्मण उंच काय क्षत्रिय उंच असलीं झगडीं. तांचेभितरूच समेट. जो राज्य करता तो पृथ्वी-पती, देवासमान. ताकाय यज्ञोपवित घालपाचो अधिकार. ह्या देशाचेर भायल्यान बळजबरेन भितर सरून राज्य करपी कितल्योशोच टोळयो. शक, पाहल, यवन, हूण, कुशाण, वत्सराजा, दुसरो नागभट्ट, धर्मपाल, भोज, जयपाल, राज्यपाल असल्या नांवांनी वळखुपी हिंदूंतले, गुर्जर, प्रतिहार, वासुदेव भक्त ग्रीक सेनापती हेलियो डोरस्... हे सगळे क्षत्रिय जाले. यज्ञोपवीतधारी पृथ्वीपती जाले. विष्णूसमान मानले. जो राज्य करता तोच देव. एकाद्रे उपजातीक चातुर्वर्णांत बसोवपाचो वा ना बसोवपाचो अधिकार राजाचो आशिल्लो. ताका शास्त्राचो आदार दिवपी ब्राह्मण आशिल्ले. पयशे, भांगर, गाय दिवन ब्राह्मणाक तृप्त करून कोणूय शास्त्राक आपले इत्सेप्रमाण आकार दिवंक शकतालो. भायल्यान चाल करून आयिल्ल्या आक्रमणकारी विजेत्यांक क्षत्रियत्व दिवन तांकां सूर्यवंश, चंद्रवंश, विष्णुवंश, रघुवंश हांची फाटभूंय दिवन दैवजात संबंदाच्या शास्त्रांची आनी पुराणाची निर्मणी जाली. फाटलीं दोन हजार वर्सांसावन ह्या देशांत मूळ क्षत्रियांनी राज्य केलें ना. बाहुबळान जो राज्यकारभार पळयतालो तोच क्षत्रिय जालो. तशेंच मूळ ब्राह्मण म्हणल्यार कोण? जे मंत्र शिकले ते राजाचे अनुमतीन ब्राह्मणमुद्रा आपणावन ब्राह्मण जाले. सगळेच जर मूळ ब्राह्मण आशिल्ले जाल्यार इतले विंगविंगड पंथ -उपपंथ कित्याक? इजिप्तांतल्यान बोटीन भारतांत आयिल्ले ते वेदविद्या शिकून नागर ब्राह्मण जाले खंय. इराणांतल्यान आयिल्ले चित्तपावन ब्राह्मण जाले खंय. जण एकल्या पंगडान कसल्यातरी ब्राह्मण्याचो मुकूट धारण केल्लो. चोरून वेदविद्या शिकून ब्राह्मण चलयेकडेन लग्न जाल्ल्या मारम्माच्या घोवान होच येत्न केल्लो. ब्राह्मण जावपाचो येत्न.

हो इतिहास खंयचे दिकेन धडपडटा? ब्राह्मण जावपाची इत्सा! खंयच्याय मार्गान जायना ब्राह्मण म्हणोवन घेवपाचो येत्न. जांणी हें ब्राह्मणपण न्हयकारलां तांणीय स्वताचो असो एक पंगड तयार करून स्वताक श्रेश्ठ मानून तेंच ब्राह्मणपण विंगड रुपान आपणायलें. ह्या प्रभावान, हे प्रक्रियेन

खंयच्याच पंगडाक सोडलें ना. कितलें प्रभावी आकर्शण, कितली बळिश्ट शक्त ही?

सत्याचे बुद्दीन आपणे वाचिल्ल्या उपनिषदांची याद केली. चराचरांत फकत ब्रह्मूच आसा. प्रत्येक जीव म्हणल्यार ब्रह्मूच. प्रत्येक आत्मो म्हणल्यार ब्रह्माचो अंशूच. हातूंत भेद नाका. तोच तूं, तूंच तो. देश काल-भेद सगळे फट. ब्रह्मच सत्य. ताका लिंग ना. जात ना. वर्ण ना. अशें आसतना वर्णभेद कसो आनी खंयच्यान जल्माक आयलो? ब्रह्मगिन्यानाक फाटलाव करपी जनसामान्यांच्या मनांत हो गिन्यानाचो उजवाड पेटोवंक अपेशी जाले काय? काय भेद-तत्व ह्या सगळ्यांचेर मात करून, हें गिन्यान व्हडल्या आवाजान साद घालतालें? वर्णधर्माचें रुप घेवन मिथ्यान ब्रह्मसत्याक गिळून उडयलें. अभेद्य, अव्दैत नदरेआड जालें. वेव्हारीक पारमार्थिकतेचें निमित्त्य सादून असत्याची परती स्थापणूक जाली. शूद्रतत्वाची घोशणा दिवपी समाजरचणूकेक उखलून घेवन ब्रह्मतत्व पांयांपोंदा माडवलें. आतां तेंच शूद्रत्व ब्रह्म जावपाखातीर तळमळटा. आतां तेंच शूद्रत्व विंगड रूप घेवन ब्रह्मशक्तीक विरोध करता.

ब्रह्म जावंक सोदप्याक विरोध करपी सगळे शूद्र- परम शूद्रच. तीन हजार वर्सांसावन आयजमेरेन न्हय. हांगा मुखार घडत आशिल्ले हे घडणुकेमेरेन होच इतिहास परतो परतो घडत आसा.

सत्या बशिल्लेकडल्यान उठलें. आनी गर्देंतल्यान वाट काडून, चडटी काडून वयर चडूंक लागलें. लोक सगळे ताकाच पळोवपाक लागले. वेंकटेशूय भ्रमिश्टावरी ताचेकडेन पळयत रावलो. वयर चडून मागीर तें वेंकटेशाचे शेजरा उबें रावन नेटान आड्डलें, 'ब्राह्मण जावंक जाय अशी जांची इत्सा आसा ते सगळे ब्राह्मण. हें हेरांनीं मान्य करपाकूच जाय अशें ना. मल्लनायक, सौद्रेगौडा, बेट्टय्या, कुळवाडी, तळवार, कोरच, नीरगंटी, सगळे ब्राह्मणूच. तेखातीर खंयचेय सभेची मान्यताय नाका. हेच खरें ब्राह्मणतत्व, ब्राह्मणशास्त्र.'

सगळे लोक स्तब्ध रावले. 'सत्या, तुगेली तकली-बिकली जाग्यार आसा काय ना?' अशें शेजरा उबो राविल्ल्या वेंकटेशान म्हणलें. ह्या वाक्यान सत्याक वास्तविकतेची जाणविकाय आयली. एक मिनिटभर लज कशी जाली आनी मुखार कितें करपाचें ह्या विचारान तें सामकें काचाबूल जालें. तें हांगा आयिल्लें तें इतिहास पळोवपाखातीर. तातूंत भाग घेनासतना प्रेक्षक जावन अलिप्तपणान इतिहासाची विंगविंगड आंगां निपक्षपातीपणान पळोवपाचो ताचो असो विचार आशिल्लो. पूण इतिहास-निरिक्षकाची बुद्द केन्ना ना जाली आनी तिचो जागो

जुस्त खंयचे बुद्दीन घेतलो हेंच सत्याक समजलें ना. आतां तें जेन्ना भानार आयलें तेन्ना आपणें इतिहासांत सक्रिय भाग घेतिल्ल्याची जाणविकाय जाली. हांगाच्यान देंवन सकयल वचून आपल्या जाग्यार बसचेंशें दिसलें. इतल्यांत वेंकटेशान परतें म्हणलें, 'चल, हांगाच्यान सकयल देंवन वच. हो तुगेलो जागो न्हय.'

हें आयकून सत्याच्या मनांत विरोधीपणाची शक्त जागी जाली. हो कित्याक म्हगेलो जागो न्हय? ह्या लोकांक सत सांगून सोडूंकच जाय म्हूण तें व्हडल्यान आड्डलें. 'ब्राह्मणपणाचे दोन नेम आसात. आत्मो हो ज्ञान स्वरुपी; आनी वेदाचो अर्थ ज्ञान. म्हणल्यार प्रत्येक आत्म्याक गिन्यानाचो, गिन्यान मेळोवपाचो, म्हणल्यार वेदाध्ययनाचो अधिकार आसा. म्हणल्यारूच जणएकल्याक ब्राह्मण जावपाचो अधिकार आसा. अधिकार केन्नाच मागून मेळना. तो अधिकार चलोवन दाखोवपाचो आसता. तुमी तो चलयात. तुमी सगळे ब्राह्मणूच.'

'फकत जल्म घेतकूच गिन्यान कशें येतलें? उपदेश कोण करतलो?' वेंकटेशान विचारलें.

'जर उपदेश सारकेल्या संस्काराची गरजूच आसा जाल्यार जणएकल्याक उपदेश दिवपाकूच जाय. बायलमनीस आनी दादलो असो भेद बाळगिनास्तना.'

'बायलेक वेदाध्ययनाचो अधिकार ना.'

'कित्याक ना? ब्राह्मणांनी पयलीं हेरांक शूद्र केले आनी उपरांत तांणी आपल्याच बायलांक शूद्रत्वाचे दशेक हाडून पावयलीं. आयकात. हांगा आशिल्ल्या बायलांक, दादल्यांक, सगळ्यांक ब्रह्मोपदेश जायजाल्यार हांव करतां. तो करपाचो अधिकार म्हाका आसा. हांवें यज्ञोपवित घालां. म्हगेल्या बापायन भाटांतल्या आश्रमांत हवन करतना म्हाका ब्रह्मोपदेश केला. ही पळयात ताची गवाय' अशें म्हूण सत्यान आपल्या उजव्या हाताच्या बोटान दावेवटेन पोल्कांतल्यान जानवें ओडून दाखयलें. परतें ताणें आड्डून सांगलें, 'ह्याच देवळामुखार हवनकुंड पेटोवन जण एकल्याक यज्ञोपवीत घालून हांव ब्रह्मोपदेश करतां. जांकां ब्राह्मण जावपाची इत्सा आसा तांणी न्हावन येवचें. हांव एकेकल्याक यज्ञोपवित घालून ब्रह्मोपदेश करतां. कोणकोणाक जाय तांणी हात वयर करचो नाजाल्यार उठून उबे रावचे.'

कोणेच हात वयर काडलो ना. कोणूच उठून उबो रावलो ना. पूण एका मिनटान, वाल्मिकी जावंक सोदपी शिकारी जमातींतलो मल्लनायक उठून उबो रावलो आनी म्हणलें, 'हे अम्माक पिशें लागलां दिसता.'

गरुडैय्यंगारानी तितल्याच व्हडल्यान म्हणलें, 'बायलेच्या गळ्यांत जानवें म्हणल्यार खऱ्यांनीच पिशें लागलां म्हणपाचें.'

'ना. हांव सत सांगतां तें आयकात पयलीं' सत्यान आड्डून सांगलें.

वेंकटेश भियेलो. ताणें रोखडेंच म्हणलें, 'पिशें लागिल्लो म्हगेलो अप्पा रावतालो त्याच भाटांत हें सत्या दीस-रात रावता. थंय रावनाका म्हणल्यार आयकना.'

'वेंकटरमणय्याचें भूत लागलां ताका. हे चलयेक हांगाच्यान घेवन वच पळोवया.' अशें सभेचे अध्यक्ष व्हडल्या पटेलान सांगून सोडलें.

सत्याक सामकी तिडक मारली. कितेंतरी उलोवपाखातीर तोंड उक्तें करूंक सोदतालें पूण तोंडातल्यान उतर सुटनाशिल्लें. तकली सून्न जाल्ली. घुंवळ आयिल्लेवरी जावंक लागलें. आपूण आता जमनीर पडटलें हाची ताका जाणविकाय जाली. पूण वयल्यान सकयल कशें देंवपाचें हाचो विचार करतासतनाच तें सकयल पडलें. सगळे लोक 'मेलें मेलें, भूतान झपाटलें.' अशें म्हणत उठून उबे रावले.

'तकलेर मारपाक उदक हाडात' अशें सांगून वेंकटेशान भोंवतणीं जमिल्ल्या लोकांक तापोवन कुशीक काडले आनी सत्याक वेंकटेश वारें घालूंक लागलो. नरसिंह पुरोयतान भितरल्यान तांबयांतल्यान उदक हाडून ताचे तकलेर आनी तोंडाचेर मारलें कांय वेळान तें साबुद्दीर आयलें. 'देवाचें तीर्थ मारतकूच भूत गेलें पळयात.' अशें म्हणत भोंवतणचे लोकांनी अजाप उक्तायलें. सत्याक लज जाली. आनी तें उठून चलपाक लागलें. 'परतें पडटलें, मात्शें राव.' अशें म्हूण वेंकटेशान तागेल्या हाताक धरलें. तिडकीन आपलो हात सोडोवन घेवन तें देवळाचे फाटले वटेन बांदावयल्यान सकयल देंवन भाटांत परतलें. ओग्गी बसून याद करतां करतां आपूण सभापीठाचेर कशें पावलें हाची कितलोय येत्न केल्यार लेगीत ताका याद जायना जाली. कुंडांत तोंड, हात, पांय धुवन तें मोन्यांनी देगेर येवन बसलें. थंय जाल्ली लज आनी अपमानाची भावना कमी जाल्ली. आपणे सभेमुखार वचून आड्डी मारून सांगिल्ल्याची याद जावंक लागली. आपल्याक ब्रह्मोपदेश केला हाचे यादीबराबर, अप्पा मरतकूच आपणे हवनकुंड पेटयलें ना हाची याद जाली. शांतप्पाशेट्टान सांगिल्लेभाशेन चातुर्वर्ण्य विष्णूदेवाचे कल्पनेवयल्यान आयल्यात आसतले. लिंगाक तकली, हात, पोट कांयच आसना. हवन ह्या सगळ्यांपरस पयलीं सुरू जाल्लें. ते खातीर तें आतां चड आकर्शित जाल्लें. आतां हांवें हाचेमुखार हवनकुंड पेटोवपाचें असो विचार सत्याच्या मनांत आयलो. त्याच दिसासावन सुरवात करपाची अशें येवजून तें

उठलें आनी वंयेकडेन आशिल्ल्या लाकडांतलीं बारीक कापटूलां कोयतेन कापून तीं एका जाग्यार लावपाक लागलें. कांय वेळान सत्याक कसलो तरी बोवाळ आयकूंक आयलो. तेवटेन कान दिवन आयकतकूच ताका कळ्ळें, देवळाकडेन झगडीं वो मारामारी सुरू जाल्या आसतली. तें वंयेच्या दाराकडेन येवन ते दिकेन पळोवंक लागलें. थंय पळयल्यार खऱ्यांनीच मारामारी चलिल्ली. भुरगीं-बायलो आनी जाणटीं मनशां व्हाळा कुशींतल्यान, तळेबांदावयल्यान, गांवचेवाटेन, वाट मेळटा थंयच्यान भियेवन धांवन वतालीं. थंय वचून पळोवन येवचें असो विचार सत्याच्या मनांत आयलो. पूण असल्या वेळार वचप अपायकारक हाची ताका जाणविकाय जाली. आनी मनांत तिरस्कारूय तयार जालो. म्हूण भाटाचे वंयेचें दार बंद करून तें भितर आयलें.



# तेरा

## 1

जनगणना लागीं पाविल्ली. तेचबराबर मतदारांच्यो वळेरी तयार जाताल्यो. स म्हयन्याचेर वेंचणुको पाविल्ल्यो. मंत्री खूब फावटी गांवांत आनी भोंवतणच्या खेड्यांनी शॉवर्ले मोटारींतल्यान पासयो मारतालो. हे खेपो आपूण कॅबिनेट मंत्री जावंक शकचोना हाची ताका खात्री पटिल्ली. हे वेंचणुकेंत हारपाची शक्यताय नाशिल्ली जाल्यार लेगीत अंदूच्या आमदारांच्या आंकड्यांच्या बळावयल्यान उपमंत्रीपद तरी मेळटलें काय ना हाचो हुस्को ताका मदीं मदीं सतायतालो. तेखातीर आपल्यांतल्या मनशांक वेंचणुकेंत उबे करपाचे, तांकां जिखून हाडपाचे नदरेन आतांसावन कामाक लागप गरजेचें जाल्लें.

ह्याच संदर्भांत एक बरी खबर तांचेमरेन येवन तेंकली. हासन जिल्ल्यांतलो व्हडल्या घराण्यांतलो एक पेजाद मनीस आपले चलयेक श्रीनिवासाक दिवपाखातीर येत्न करतालो. ताका मुखावयले वेंचणुकेंत उबो रावपाची इत्सा आशिल्ली, तेचबराबर त्या जिल्ल्यांत फकत ताचे जातींतूच न्हय तर हेर जातींमदींय ताच्या उतराक बरें वजन आशिल्ल्याचेंय मंत्र्याच्या कानार पडिल्लें. हें जर जमलें जाल्यार थंयच्या चार-पांच आमदारांचो तेंको मेळपाची गॅरंटी. ताणें स्वता चलयेक पळोवंक नाशिल्ली. पूण चली बरी सशक्त आनी बऱ्या लक्षणाची आसा अशें मध्यस्थाकडल्यान कळिल्लें. हायस्कूलमेरेन शिकलां खंय. आनीक कितें जाय? - मंत्र्यान आपलें कोंत केलें.

पूण खरो त्रास आसा तो घरांतलोच. बायल मरतसावन श्रीनिवास बेंगळूरांत चडसो येनाशिल्लो. बस आनी ट्रकाच्या वेव्हारांत चड लक्ष दिवन तुमकूरांतच रावतालो. लक्ष दवरपाचें म्हणल्यार कितें? लायनी तर सामक्यो बऱ्यो आसात. खेड्यांतले रस्ते आसून लेगीत खूब प्रवासी आसतात. कंडक्टर आनी ड्रायव्हर लुकसाण जावचें ना हाची दखल घेवन आपूण खावन उरिल्ली कॅश हाडून दितात. हिशोब पळोवपाखातीर कारकूनाची नेमणूक केल्या. श्रीनिवास फकत सय करून मेकळो जाता इतलेंच. कांयच आनी कसलेंच काम करना खंय.

सिनेमा पळोवपाक वता खंय. नाजाल्यार कसलो तरी विचार करत मोन्यांनी बसून रावता खंय. तेंवूय नाजाल्यार न्हिदो काडटा खंय. लग्न जावन संवसाराची संवय लागतकूच ल्हान पिरायेचेरूच विदूर जाल्यार अशेंच जावपाचें - अशें मंत्र्यान चिंतलें.

एक दीस मोटारीन बायलेकूच तुमकूराक धाडली. रंगम्माक चल्याचो चड हुस्को आशिल्लो. मंत्र्याक तितलें पडून वचूंक नाशिल्लें. सुनेक मरून आठ म्हयने जाल्ले. इतल्या म्हयन्यांत श्रीनिवास फकत चारूच फावटी आयिल्लो. तेंवूय मोटार गेटीकडेन थांबोवन भितर येवन मात्सोवेळ बसून वतालो. तेन्ना लेगीत विचारिल्ल्या प्रश्नांक सारकी जाप दिनाशिल्लो. दिसानदीस ताची भलायकी इबाडटाली. कितेंय विचारल्यार तोंड वांकडें करतालो. सिगार ओडून ओंठ काळे पडूंक लागिल्ले. हाका बेगीन लग्न करूंक जाय म्हूण रंगम्मा मंत्र्याक सांगीत आसताली. हालींसराच हातूंत ते लक्ष घालूंक लागिल्ले.

चकरी, तिखसो शेव, घट्टेले लाडू घराकडेन करून घेवन रंगम्मा भायर सरली. तांगेली मोटार तुमकूरांत पावली तेन्ना दनपारचीं तीन वरां जाल्लीं. बाजारपेटेंत भितरसरतकूच दाव्या हाताक आशिल्ल्या ऑफिसाचे फाटलेवटेन आशिल्ले व्हडले कुडींत श्रीनिवास रावता हें ड्रायव्हराक खबर आशिल्लें. हीं गेल्लीं तेन्ना ऑफिसांत कारकूनच आशिल्लो. 'ते सिनेमा पळोवपाक गेल्यात दिसता. स वरांचेर येतले. कुडीची चावी म्हजेकडेन ना. येयात, तेमेरेन हांगाच बसात.' अशें ताणें लक्तुबायेन सांगलें.

'तो खंयच्या टॉकिजांत गेला तें पळोवन ताका घेवन यो.' गाडयेंतूच बसून रंगम्मान सांगलें.

धनी खंयच्या टॉकिजांत गेला आनी खंयच्या दर्जाच्या तिकिटाचेर बसला आसतलो हाचो अदमास त्या कारकूनाक आशिल्लो. तो सायकलीन गेलो. वीस मिणटांनी परतो येवन म्हणलें, 'धनी येतात. तुमी बसात चावी हाडल्या.' आनी ताणें रुमाचें दार उक्तें केलें. रंगम्मान रुमांत पांय दवरलो. पळयल्यार भितर खूब सिगरेटींचो धुंवर कोंडिल्लो. कारकूनान जनेलां उक्तीं केलीं. कुडभर पडिल्लीं सिगाराचीं पोतेरां पळोवन ताकाच लज कशी दिसूंक लागली. रोखडोच भायर येवन कारकूनान फाटलेवाटेन बशी थांबतात त्या कंपावंडांत आशिल्ल्या एका क्लिनराक आपोवन रुमांत सान्न मारूंक लायली.

रंगम्मा रुमांत बसून श्रीनिवासाची वाट पळोवपाक लागली. ड्रायव्हर कॉफी पिवपाक मुखावयल्या हॉटेलांत गेलो.

'कॉफी आनी कितेंय खावपाक मागोवं?' अशें कारकुनान धनिणीक मानान विचारलें. रंगम्मान ताका ना म्हूण सांगलें. कितलो वेळ वाट पळयली श्रीनिवास आयलोच ना. 'तुगेली आवय आयल्या म्हूण सांगलां काय ना?' अशें विचारतकूच कारकून मात्सो वेळ गडबडिल्लेवरी जालो.

'आता येतले ते' ताणे म्हणलें, 'सिनेमा थिएटरांत आशिल्लो?'

'हांगाच गेल्यात. चावी दिवन, तूं वच हांव रोखडोंच येतां अशें सांगलां.' कारकूनान सांगलें.

श्रीनिवास स वरांचेर मोटारीन आयलो. 'कितलो वेळ जालो हांव तुजी वाट पळयतां. इतलो वेळ कितें करतालो?' अशें आवयन विचारलें.

'सिनेमा पळयतालो. कितें खबर?' श्रीनिवासान जाप दिली.

कोणे तरी पोल्यार थापट मारिल्लेवरी रंगम्माक जालें. तिचे दोळ्यांत दुकां आयलीं. 'मागीर तसो रकाद दिवंक जायनाशिल्लो? जल्म दिल्ले आवयकडेन अशें उलयतात?' रंगम्मान म्हणलें.

तो कांयच उलयलो ना. खाणांच्यो पोटल्यो मेजार काडून दवरत तिणें विचारलें, 'तूं घराकडेन कित्याक येना?'

'खंयच्या घरा?' श्रीनिवासान विचारलें.

रंगम्माक कितें उलोवचें तें कळ्ळें ना. सावकासायेन ती विशयाकडेन आयली. 'हासन लागसारूच कसलो तरी गांव आसा खंय. थंय पुट्टेगौडा नांवाचे व्हडले जमीनदार आसात खंय. तागेली चली आंगान सशक्त आनी बरी आसा खंय. थंयच्यान निरोप आयला. चल, चली पळोवन येवया.'

'म्हाका पयलीं लग्न खंय करपाक जाय? थंय वचपाची कसलीच गरज ना.'

'तशें कित्याक म्हणटा? एक गेली जाल्यार कोणूय दुसरी करनात काय कितें? तीच बायल जाय म्हणल्यार कशी येतली बाबा?'

'तुवें म्हणलें म्हूण हांव एक फावट लग्न जालों काय ना? आतां परतें म्हाका सांगनाका. म्हाका सिनेमाक वचूंक जाय. वेळ जाता म्हाका. तूं वच' अशें सांगून तो भायर सरून गेलो. मोटारीचें दार उघडून, मोटार स्टार्ट करून मुखार गेल्ल्याचो आवाजूय आयकूपाक आयलो. आतांच सिनेमा पळोवन आयिल्लो परतो कित्याक गेलो? हाचें रंगम्माक अजाप दिसलें. कारकूनाक आपोवन विचारलें. 'म्हाका कितें खबर?' ताणें नमळायेन म्हणलें.

'परतो कितल्या वरांचेर येतलो?'

'हांव कसो सांगतलो तुमकां?'

रंगम्माक कितें करचें तें कळ्ळें ना. आनीक एक वरभर थंयच बसून रावली. कांयवेळान कारकून येवन म्हणूंक लागलो, 'म्हाका वेळ जाता. हांव वतां. सगळ्यो बशी आयल्यो.'

मोटारीचो ड्रायव्हरूय येवन म्हणपाक लागलो, 'आतां कितें करपाचें?'

वाट पळोवन कांयच फायदो ना. आनीक एका दिसा परतून येवया.' अशें म्हणून रुमाच्या दाराक कुलप घालपाक लावन रंगम्मा थंयच्यान परतली.

बायलेन सांगिल्लें आयकून मंत्र्याक भंय कसो दिसूंक लागलो. हालींसरा तो एकेतरेन वागता हें मंत्र्याकूय खबर आशिल्लें. पूण राजकारणाचे धांवधपटी मुखार तेवटेन पुराय लक्ष दिवंक ताका जमलें ना. आवय आयिल्ली कळून लेगीत पुराय सिनेमा पळोवन येवप, इतलेंच न्हय जाल्यार मागीर परतो सिनेमा पळोवपाक वचप ही भिरांत दिसपासारकी वागणूक आशिल्ली. 'पोले भितर गेल्लेवरी जाल्यात आनी सिगार ओडून ओडून ओंठ काळे जाल्यात' हें आयकून मंत्र्याक खूब हुस्को जावंक लागलो. कितलेतरी जाणांच्यो बायलो मरतात. तितले खातीर इतलें कित्याक करपाक जाय? पूण तुवें म्हणलें म्हूण हांव एक फावटी लग्न जालों काय ना? परतें म्हाका सांगनाका. हे जापेचो भितरलो अर्थ मंत्र्याच्या रोखडोच लक्षांत आयलो. पूण तो रंगम्माच्या लक्षांत आयलो ना. मंत्र्यान आपले बायलेक आनी तो सांगलो ना. श्रीनिवासाचें मन बदलपाक जाय. परतो ताका लग्नाक तयार करूंक जाय. गेल्ले खेपो ताणे आवयच्या उतराक मान दिलो. आतां तो दिवंक तयार ना. आज्याक सांगल्यार काम जातलें काय? पूण तांचो सभावूच जबरदस्ती करपाचो. आवयक केलें तशेंच श्रीनिवासान आज्याक केल्यार तांचो अपमान जातलो आनी ते तिडकतले. श्रीनिवासाची तकली मात्शी शांत जातकूच तांकां धाडपाक जातलें. पूण ताका शांत कसो करपाचो?

आनीक एक हुस्को तांच्या मनांत आयलो. तो म्हणल्यार अशेच सिनेमा पळोवन सिगार ओडून तो बशी, ट्रकांचो वेव्हार कसो पळयता आसतलो? सरकाराचो हप्तो आनी गरजेचो खर्च काडून ताका स्वताक पावतले इतले मेळटात आसतले. ताका पावनात जाल्यार म्हज्या म्हऱ्यांत येतलो आशिल्लो. पूण थंय आयिल्ले पयशे थंयच खर्च जातात जाल्यार तातूंत गुंतयल्लो पयसो कसो मेळटलो? आनी ताचेर फायदो खंयच्यान मेळटलो? कांयच फायदो ना जाल्यार ही धांवधपटी कित्याक काडपाची? ह्या विचारान ते भियेल्ल्यावरी जाले. वट्ट तीन लाख गुंतयल्यात थंय. आपणे मात्शें तरी लक्ष दिवंक जाय आशिल्लें. अशें मनांतल्या मनांत ताणें म्हणलें. त्याच दिसा तुमकूरांतल्या ऑफिसांत ट्रंककॉल

करून मंत्री मेलगिरीगौडा कारकूनाकडेन उलयलो. आनीक ताकाच बेंगळूरांत येवन मेळपाक सांगलें. सांजवेळा कारकून येतकूच ताका ताचेकडल्यान सगळ्यो गजाली कळळ्यो. श्रीनिवास फकत तुमकूरांतूच सिनेमा पळयनाशिल्लो, कितलेतरी फावटी सकाळीं मोटारीन बेंगळूरांत येवन एक- दोन सिनेमा पळोवन सांजवेळा तुमकूरांत वतालो. 'पिता-बिता काय कितें?' अशें विचारतकूच कारकूनान म्हणलें, 'तें कांयच खबर ना सर.'

'हें पळय. तू कायंच भियेवंनाका. सांग.'

'फकत बियर. आनीक व्हडलेंशें कांयच ना. तुमकूरांत मेळना न्हय. एक फावटी तांणी स बियरिच्यो बाटल्यो हाडिल्ल्यो खंय. तुमकूरांतले गेटीकडेन पुलिसांनी तपास करून धरले खंय. तुमगेलें नांव सांगतकूच केस घालीना खंय.'

'बायलो बी आसात?'

'शी, शी, तें काय ना सर, फट कित्याक सांगू?'

'बरें, तुवें हाचे मुखार सप्तकांतल्यान एक फावटी हांगा येवन जमा-खर्चाचीं कागदपत्रां दाखोवन वचूंक जाय.' अशें सांगून कारकूनाक परतो धाडलो.

दोन दिसांनी मंत्रीच सकाळीं उठून तुमकूरांत गेलो. सकाळीं आठ वरांचेर पावलो तेन्ना ऑफिस उक्तें आशिल्लें. कारकून बसस्टँडार गेला अशें क्लिनरान सांगलें. तो बशी वचपाचो वेळ आशिल्लो. भितरल्या रुमाचें दार बंद आशिल्लें. दाराचेर नेटान मारतकूच श्रीनिवासान भितरल्यान खिळी काडली. जनेलां लेगीत बंद करून न्हिदिल्ल्यान तागेले दोळे, दार उक्तें करनाफुडें उजवाडान दिपकावले. रंगम्मान खरेंच म्हणिल्लें, सिगाराचो धुंवर भितर वतल्याक भायर धांवडायतालो. अकस्मात बापायक मुखार पळोवन ताका कशें तरी जालें. तुवालो, ब्रश, पेस्ट आनी शाबू घेवन तो फाटले वटेन आशिल्ल्या नळाकडेन गेलो. क्लिनराक सांगून मंत्र्यान जनेलां उक्तीं करून घेतलीं. सिगाराचीं पोतेरां खाटीचे कुशीन पडिल्लीं. खाटीपोंदा बाटल्योय आशिल्ल्यो. एक ग्लास आशिल्लो. मंत्र्यान म्हऱ्यांत वचून पळयलें. कारकूनान सांगिल्लेवरी फकत बियरीच्योच बाटल्यो आशिल्ल्यो. आनी चड कांयच नाशिल्लें.

अर्द वर जालें तरी तो तोंड धुवन आयलो ना. मंत्र्यानूच वचून पळयल्यार तो थंय नाशिल्लो. क्लिनराक आपोवन श्रीनिवासाक सोदूंक लायलो. थंय तिसरे इमारतींत वसंता हॉटेलांत कॉफी पिवपाक गेला अशें ताणें सोदून येवन सांगलें. आवयक केल्लें तशेंच आपल्याकडेनूय मुद्दम दुर्लक्ष करता हें मंत्र्याच्या लक्षांत आयलें. खूब तिडक मारली. नीट्ट हॉटेलांत वचून मुस्कटार दिवचेंशें दिसलें.

पूण तिडकीन कितेंय केल्यार काम इबाडटा हाची याद जावन तो ओग्गी बसलो. आनीक पंदरा मिणटां जावन गेल्यार लेगीत तो आयलो ना. मंत्र्यान परतो क्लिनराक आपोवन हाडपाखातीर धाडलो. धा मिणटानीं श्रीनिवास आयलो. ब्रश, शाबू आनी पेश्ट मेजाचेर दवरून खाटीर मोन्यांनी येवन बसलो. एक उतर उलयलो ना.

सकाळीं इतल्या वेळान उठल्यार बशीचो वेव्हार कसो चलतलो अशें विचारचेशें दिसलें. पूण सारके पद्धतीन संभाशण सुरू केलें नाजाल्यार आपलो हेत सादोवपाक जावचो ना हाची जाणविकाय आशिल्ल्यान ते मुखेल विशयाचेर आयले. 'जे जावपाचें तें जावन गेले म्हज्या बाबा. ह्यो गजाली कोणाच्याच हातांत आसनात. देवान नशिबांत बरयिल्लें आसता. आमगेलीय ती अपुरबायेची सून आशिल्ली. आनी कितले दीस असोच रावतलो?' तो कायंच उलयलोना. ओग्गी सकयल मान घालून बशिल्लो. 'आमकांय दुख्ख भोगता. पूण फुडाराचें येवजुपाक जाय. पाळेगाराच्या वंशाची वाल मुखार बळपाक जाय.' दोन मिणटां गेलीं तरीकूय श्रीनिवास कांयच उलयलो ना. 'तूं कांयच उलयना जाल्यार कितें करपाचें हांवें?'

'वंश वाडलो ना जाल्यार कितें जाता?'

हें आयकून मंत्र्याक धपको बशिल्लेवरी जालो. पूण कितल्या तरी खडबडीत वाटांवयल्यान वचपाची संवय आशिल्ल्यान तांणी सट्करून जाप दिली. 'कितें जातलें, कांयच सांगपाक जायना. घरांतल्या जाणटेल्यांच्या मनाचो विचार करूंक जाय. गांवांत आजो रडटा. तुगेली आवय सदांच दोळ्यांतल्यान दुकां गळयता. तुजेखातीर इतलें सगळें करतां. म्हाका तरी कसलें सुख आसा?'

चलो कांयच उलयलो ना. बापूय पांच मिणटां तागेले जापेची वाट पळयत रावलो. पूण तो बावलो कसो ओग्गी बसून आशिल्लो. 'तुज्या मनांत कितें आसा तें सांगून सोड. ओग्गी रावल्यार कितें कळटलें?'

'बुद्द आसल्यार तुमीच समजून घेयात.' अशें म्हूण तो भायर वचपाक उबो रावलो.

'कितें तें तोंड उक्तें करून सांग' - ताणें परतो आग्रो केलो.

'म्हज्या मनांत आशिल्ले चलयेकडेन लग्न करून दितात जाल्यार दियात. नाजाल्यार म्हाका नाका. ब्राह्मण-ब्रिह्मण म्हूण वाद करपाक जायना.'

ही तागेली जाप मंत्र्याक पुरायेन अनपेक्षीत नाशिल्ली. पूण तागेली उलोवपाची पद्धत मात दोन वाजोवपासारकी आशिल्ली. इतलें सांगून श्रीनिवास

पांयांत जोतें घालून थंयच्यान भायर सरलो. ताणें हुमरो हुपचे पयलीं मंत्र्यान विचारलें 'पूण ताचेकडेन उलयला तूं?'

'वंश वाडपाक जाय हाची धास्ती कोणाक लागल्या ताणेंच जाय जाल्यार वचून उलोवपाचें. म्हाका काय गरज ना' अशें सांगून तो हुमरो हुपून सोपणां देंवन गेलो.

मंत्र्याच्या हड्ड्यार वार केल्ले वरी जालो. 'रांडेपूत' अशी गाळ मारपाची मनांत आयिल्ली. पूण तोंडांतल्यान भायर सरली ना. हांगा बसून कांयच उपेग जावचोना हें ताच्या लक्षांत आयलें. तो इतले बेगीन परतो येवचो ना. खंय आसा तो पळोवपाखातीर क्लिनराक वा कारकूनाक धाडलो जाल्यार आपलोच अपमान जातलो अशें येवजून मंत्री भायर आयलो. क्लिनराक रुमाक चावी घाल म्हूण सांगून मोटारींत बसून स्टँडार गेलो. एजंट निमाणे बशीचें चलन पिंजून कंडक्टराकडेन दितालो. अचकीत मंत्र्याचें तोंड पळोवन एजंट, कंडक्टर आनी कारकूनाचीं तोंडां देंवलीं. 'कलॅक्शन कितलें जालां?' अशें म्हूण, मंत्र्यान चलन मागलें. भियेवन कंडक्टरान तें चलन मंत्र्याच्या हातांत दिलें. प्रवाशांचो आंकडो बेचाळिस बरयिल्लो. बशींत अयशांवयर प्रवाशी आशिल्ल्याचें मेजनासतना कळटालें. तरिकूय मंत्र्यान आपली तिडक दाखयली ना. 'हाचेमुखार हांव लक्ष घालतलों, डि. एस्. पी. क सांगून वतां चोरी धरात म्हूण.' अशें सांगून, कंडक्टराक चलन दिवन गाडयेंत वचून बसलो.

## 2

मंत्री दोन दीस तिडकींतूच आशिल्लो. तुमकूरांत कामाचें कितें जालें म्हूण वासपूस करतले बायलेचेरूय ताणें तो राग काडलो. राज्य करपी म्हजेसारकेल्या मनशाक नेट दाखयता. चोर खंयचो म्हूण गाळ मारली. पूण तिसऱ्या दिसा तकली जाग्यार येतकूच शांततायेन विचार करपाक लागलो. आदलेवरी आतां श्रीनिवास मात लेगीत बागोवचोना अशें मंत्र्याच्या मनान सांगलें. केंपण्णाची चली कितली सुंदर आशिल्ली. तिचेमुखार सिनेमाची नटी कांयच न्हय. सुनेन म्हणिल्ल्या उतरांची याद जाली. हांव आसून लेगीत श्रीनिवासाचें लक्ष ते पुरोयताचे चलयेकडेन आसा. सुनेन म्हणिल्ले एकाद्रें खरेंच आसतलें. श्रीनिवास आनी सत्या चोरून मेळटात जाल्यार? असो ताका दुबाव आयलो. तें बेंगळूरात आसतना घोव-बायलेवरी दोगांय वांगडाच आसतालीं. बापूय मरतकूच तें गांवातूच रावता खंय. शेतांत, भाटांत आमगेल्या जातीच्या बायलांवरी काम

करता. ताचेउपरांत तांच्यो गांठी-भेटी नात. तरिकूय श्रीनिवासाक सत्याचो विसर पडूंक ना. ताका असोच सोडल्यार आनीकूय ताची वाट लागूंक शकता. आतां फकत बियर घेता. मागीर व्हिस्की घेवपाक लागत. मागीर कितें करप? दुसरी एकाद्री योग्य चली पळोवन हाडली जाल्यार श्रीनिवासाक जाग्यार हाडूंक जावचें ना? पूण तसली योग्य चली खंय आसा? आनी केंपण्णाची चली आसून लेगीत ते ब्राह्मणाचे चलयेक विसरूंक शकलोना. मागीर दुसरी कोणूय आयल्यार व्हडलेशें कितें जावपाचें आसा? म्हणल्यार ते पुरोयताचे चलयेबगर आनीक दुसरो मार्गूच ना?

कित्याक म्हूण कोण जाणा, ग्रहूच सारके नात. हासनचे पुट्टेगौडांकडेन नातें जुळिल्लें जाल्यार फुडल्या मंत्रिमंडळांत तरी कॅबिनेट मंत्री जावंक मेळटाशिल्लें. आनीक खंयचेय तरेन श्रीनिवासाक पटोवपाक जावचें ना? तसो येत्न करूंक जाय - पूण, तागेलो चेहरो पळयल्यार करपल्लेवरी जाला. हाका पळोवन चलयेच्या बापायनूच न्हयकार दिल्यार म्हजोच अपमान जातलो. 'वंश वाडूंक जाय जाल्यार तांणीच वचचें उलोवणीं करपाक. म्हाका ताची गरज ना.' अशें म्हणिल्ल्या उतरांची याद जाली. दुसरेकडेन खंयच वचपाक नाका, हे ब्राह्मणाचे चलयेकूच हाडूंक जाय. पूण आमची मुखार गत कितें जातली? भोंवतणचो रयत समाज हाका मान्यताय दितलो? तांची मान्यताय घेनासतना लग्न केल्यार येता ते वेंचणुकेंत तांणी म्हाकाच बुद्द शिकयली जाल्यार? कितलो व्हडलो त्याग हो! कितलें लुकसाण हें! अशें दिसलें.

लुकसाण आनी फायद्याची तुळा केल्यार तातुंतल्यान फायदोय जातलो अशें दिसतालें. ती सामकी हुशार चली. वेवसाय बिवसाय सगळे बाबतींत मुखार सरून करपाची धिटाय आसा ताका. केंपण्णाची चली फकत सुंदर बावली कशी आशिल्ली. पूण हे ब्राह्मणाचे चलयेची गजालूच वेगळी. गांवाकडली खूब जमीन, तुमकूरांतलो बस ट्रकांचो वेव्हार वेवस्थीत पळयतली. अशे सिनेमा-बिनेमा पळोवप न्हय, वेव्हार पळोवपाक जाय अशें घोवाक दपटावन बरी बुद्द दिवन जाग्यार हाडटली. असली चली हाडल्यार आपल्याकय कामांत मजत जातली. जाय तशें भाशण बरोवन घेवंक जाता. ताकाच भाशण करपाक धाडून बायलांची मतां मेळोवंक जातात. बेंगळूरांत लेक्चर दिवन मुख्यमंत्र्याक प्रभावीत करपाक जाता. आनी मागीर कॅबिनेट मंत्री जावपाक कसलेच त्रास ना. आसा तातुंतल्यान फायदो मेळोवप हेंच खरें शाणेपणाचें काम. हाचेमुखार बशीच्यो लायनी सरकार आपल्या हातांत घेवपाक सोदता. मागीर आनीक धा-पंदरा ट्रक हाडून बेंगळूरांतूच मुख्य कार्यालय केल्यार काम जालें.

पूण आमगेल्या तालुक्यांतल्या रयतांक कशें समजावपाचें? लग्नाचें पयलींच तांकां विचारूंक जाय. ह्या ब्राह्मणांक आपूणच श्रेश्ठ म्हूण गर्व जाला. आतां तांगेले चलयेक तेवूय पुरोयताचे चलयेक सून म्हूण हाडून आमगेल्या घरांतलें उश्टें काडपाक लायल्यार? अशें रयतांच्या मुखेल्याकूच विचारून पळोवपाक जाय. सामके उमेदीन मान्यताय दितले. कितलेय जाले तरी आमेगेले लोक मुर्खूच. कांय बाबतींत, थळाव्या विशयांत रयतांची जाणविकाय आमचेपरस चड शिटुकसाणेची आसता. हाची याद जावन हें तितलें सोपें ना अशेंय ताका दिसलें. आसूं, इतलें सगळें करतकूच तें जाग्यार घालपाक थोडें बलिदान करपाक पडलें जाल्यार तातूंत व्हडलेशें अजाप खंयचें? इतलेंय जमोवन हाडपाक जालें नाजाल्यार पाळेगार वंशात जल्म घेवन कसलो फायदो? मंत्री तरी कित्याक जावंक जाय?

तुमकूरांत घडिल्ली सगळी गजाल विस्कटावन बायलेक सांगली. आनी म्हणलें, 'ते ब्राह्मणाचे चलयेकूच सून म्हूण हाडप योग्यशें दिसता.' तेन्ना बायलेक अजाप दिसलें.

'ब्राह्मणाची चली केल्यार भुरगीं जातलीं?' अशे बायलेन म्हणलें.

'कित्याक जावचीं ना?'

'तेन्ना गांवातल्या देवान सपनांत येवन तशें सांगिल्लें.'

'म्हूणच तेन्ना आमी आमगेलेच जातींतली केली ना? तेन्ना देवान तशें म्हणलें. आतां ती गेली. म्हणल्यार ती बायल मेली. देवाची शांती जाली आतां. आतां ह्या पुरोयताचे चलयेकडेन लग्न केल्यार कांयच जावचें ना.'

पूण रंगम्माचो हाचेर विस्वास बसलो ना. तिका लग्न करून हाडली नाजाल्यार श्रीनिवासाची वाट लागतली अशी मंत्र्यान समजावन सांगल्यार लेगीत चल्याच्या भविश्याची रंगम्माक चडूच भिरांत दिसूंक लागिल्ली. पूण सत्याकडेन लग्न करपाचो विचारूच ती मनांत हाडूंक तयार नाशिल्ली. तेन्ना घरच्या देवान सपनांत येवन सांगिल्लें. त्या देवाचो अपमान करपाचो? 'तेन्ना घरच्या देवान सांगिल्लें तशें आमी केलें ना? तुगेले सांगणेप्रमाण देवळाची वणत बांदून काडली ना? इतलें सगळें करून लेगीत अशें जालें म्हणल्यार तुगेली सपन पळोवपांतूच कसलीय चूक जाल्या आसतली. नाजाल्यार तुवें ताचो अर्थ विंगड लायला आसतलो. तुगेल्या सपनाचो अर्थ असोच आसा हाची खात्री आसा तुका?'

दोन वर्सांपयलीं पडिल्लें सपन आनी तेन्नाच्या सपनाची आतां याद करून ताचेर आत्मविस्वासान उलोवपाची रंगम्माची योग्यताय नाशिल्ली. वट्ट

सांगपाचें म्हणल्यार, चल्यान दुसरें लग्न जावन सुखान रावंक जाय. आनी तागेर भुरगीं जावचीं, तोवूय चलो भुरगो जावंक जाय अशी तिची इत्सा आशिल्ली. सपनांत जें पळयलें तें म्हत्वाचें न्हय. मंत्र्यान म्हणलें, 'तेन्ना तुवें नाका म्हणलें म्हूण हांवें तुगेलें आयकून मंड्यातले चलयेची सोयरीक हाडली. नाजाल्यार सत्याकडेनूच करूंया म्हणटलों आशिल्लों.'

'तेन्ना तुमीच सांगिल्लें न्हय ही चली नाका म्हूण.' रंगम्मान म्हणलें.

'तुगेली बुद्द जाग्यार आसा जाल्यार पळय, सारकी याद कर.' अशें मंत्र्यान रागान आड्डून म्हणटकीच तिगेल्या तकलेंतल्यो यादी विचलीत जाल्यो. वाद केल्यार घोव तिडकतलो म्हूण ओग्गी रावली. एकाद्रें आपलेंच कितेंतरी चुकलें आसतलें अशें तिका दिसूंक लागलें.

'जालें तें जालें. तातूंत तुजी चूक ना. आतां मुखार कितें करपाचें तें पळोवया' मंत्र्यान म्हणलें.

'ब्राह्मणाचे चलयेक स्वता हातान उश्टें काडपाक लावपाचें?'

'ताणें कित्याक उश्टें काडूंक जाय? घरांत नोकर ना काय कितें? मंड्यांतल्या सोयऱ्यांनी दवरल्यात तशे ब्राह्मणाचे रांदपी दवरुंया. सगळें सारकें जातलें.'

रंगम्माचो भंय ना जायत वतालो. मंत्र्यान येवजिलें, आतांसावनूच हिच्या मनांत पुराय विस्वास भरपाक जायना. वेळ येता तेन्ना सारकें जातलें. मंत्र्यान बायलेक म्हणलें, 'तूं गांवात वच आनी व्हडल्या गौडाच्या कानार ही सगळी गजाल घाल. तांकां सांग, श्रीनिवासाची अवस्था अशी आसा आनी जर आमी तागेलें लग्न ते ब्राह्मणाचे चलयेकडेन केलेंना जाल्यार तो हाताभायर वतलो हाचो भंय आसा. कितें करुंया? हांव अशें म्हणटां म्हूण सगळें तांच्या कानार घाल. ते कितें म्हणटात तें पळोवया. तितले म्हणसर हांव खंयचे तरी पंडिताक विचारतां. तिरुपतींत व्हडले व्हडले पंडित आसात म्हूण आयकलां.'

रंगम्मा दुसऱ्याच दिसा मोटारीन गांवात गेली. तिका धाडटकूच मंत्र्याक एक वेगळी आडखळ जाणोवपाक लागली. आमी हें मान्य करतले, पूण यंगटेश मान्य जातलो? व्हडलो कारस्थानी भुरगो तो. तेन्ना हें लग्न मोडपाखातीर आमी जितली बुद्द वापरिल्ली तितलीच ताणेंय बुद्द वापरिल्ली. कितेंय केल्यार लेगीत जातीची मस्ती काय कमी ना ताच्या आंगात. चली तयार जातली. ताका आपोवन गांवांतूच कन्यादानाची वेवस्था करपाक जाता. पूण यंगटेश विरोधांत उबो रावतलो. मनांत आयलें विरोध करून तो नालायक, ब्राह्मणाचो चलो आमचें कितें वायट करपाक शकता? तरिकूय बुद्दीन रोखडोच ताका सावध

केलो. कितलोय जालो तरी तो पाताळयंत्री. ताका सरळ विरोध करपाची गरज ना. तालुक्याचे मुखेली ताचे वळखीचेच. म्हज्या विरोधांत आमच्याच जातींतल्या एका मनशाक उबो करून, 'रयतांचे जातींत जल्मून विंगड जातींतली चली हाडपी ह्या मेलगिरीगौडाक मतां दिवं नाकात.' अशें कॅनव्हासींग करून म्हाका फोंडांत उडयत हो नालायक. तातूंत आमगेले जातींतल्या मनशांक तितली जाणविकाय ना वा बुद्द ना. आमगेल्या मनशाचे विरोधांत रावचें न्हय. इतलेंय तांकां कळचेंना. तितली बुद्द आशिल्ली जाल्यार आमी अशे फाटीं उरतले आशिल्ले? माकडां खंयचीं?'

पूण ह्या यंग्टेशाक कितें करपाचें? मोटारलायनीची ताका खूब इत्सा आशिल्ली. हावेंच ताका मजत करूंक नाशिल्ली. एकफावट जर तागेलो जम सारको बसलो तर तो आमकांच मुळासकट हुमटावन उडयतलो. असलें कूळ तें. आतां कशेंय करून ताका एकाद्री लायन दिवंक जाय. आमगेलीच एकाद्री लायन दिवची पडली जाल्यार व्हडलेशें कांय ना. आनी तशें पळोवंक गेल्यार तो आमगेलो सोयरोच जातलो. जगूंदी ताका - ह्या विचारान ताका प्रस्न सुटावो जाल्लेवरी दिसलो.

## 3

पुरोयत वेंकटरमणय्यान आपल्या पिशेपणांत तिडकीन दिल्ल्या स्रापान नातवाची बायल गुरवार आसतना मेल्ली. ताचें व्हडल्या पटेलाक, तिरुमलेगौडाक फकत दुख्ख जालें इतलेंच न्हय, जाल्यार ब्राह्मणाच्या स्रापाचो भंय दिसलो. पयलींच्या काळांत ब्राह्मण, क्षत्रिय, वैश्य, शूद्र अशो जाती केल्ल्यो त्यो काय फटीच्यो न्हय. ब्राह्मणांक धन-धान्य दिवन हेरांनीं संतुश्ठ करपाक जाय. पूण ह्या पुरोयतान म्हजे नातसूनेक कित्याक स्राप दिलो? आमी तांचेर केल्लो अन्याय खंयचो? आमगेल्या यादीप्रमाण आमी केन्नाच त्या पुरोयताचेर अन्याय केलो ना. आमगेल्या पूर्वजांनी देवळाक देणगी रुपांत जमनी दिल्यात. मागीर म्हाराजा सरकारान त्यो कमी केल्यार लेगीत आमी तांकां हात लायलो ना. हांवें जावं वा म्हगेल्या बापायन, आज्यान कोणेच हात लायलो ना. इतलें आसून लेगीत ताणें आमगेले नातसूनेक आनी तिगेल्या गर्भाक कित्याक स्राप दिलो? कितें कारण आसतलें? आपले चलयेक आमी सून करून घेतली ना म्हूण? पूण हें लग्न जावचें न्हय म्हूण ताणीय खूब येत्न केल्ले. ताणीच चलयेक जोत्या व्हाणांनी बडयिल्ली खंय. इतलें आसतना ताणी स्राप

कित्याक दिलो? काय पिशेपणांत बुद्द जाग्यार नाशिल्ल्यान घडिल्ली गजाल? तशें जाल्यार तांगेलो स्राप खरो कसो जालो?

होय विचार व्हडल्या गौडाच्या मनांत घोळत आशिल्लो. जालें तें जालें आता दुसरें चली हाडून लग्न करूंक जाय म्हूण चल्याक सांगतालो. योग्य घरांतली चली मेळपाक जाय म्हूण तांगलो चलो, मंत्री मेलगिरीगौडा, लग्नाचें कार्य मुखार धुकलतालो. ताकाय तें पट्टालें. आमी राजघराण्यांतले. नांव नाशिल्ल्या घराण्यांतली चली हाडूंक जायना हो विचारूय तांणी केलो. नातू भ्रमिश्ठावरी वागता हें ताच्या कानार पडिल्लें. हाचें ताका वायट दिसलें तरी तरणेपणांत बायल मरतकूच, दुसरी येसर हें अशेंच जातलें अशें म्हूण ओग्गी रावलो. नातू गांवांत येवंकूच नाशिल्लो. गांवांतले जनगणने उपरांत व्हडलो पटेल सिंहासनाचेर बसून जातीचो स्थर थारायताले तेन्ना ताका नातवाची याद जाली. आपूण हांगा राज्य करता, आपलो चलो राज्याचेर राज्य करता. पूण आजूनेमेरेन ताका नातू जालो ना. 'हें बीं किल्लुवचें ना.' असो त्या पुरोयतान देवळामुखार उबो रावन स्राप दिल्लो. मुखार राज्याधिकार चलोवपाक कोणूच जल्माक आयलो नाजाल्यार आमची गत कितें जातली? असो विचार व्हडल्या पटेलाच्या मनांत आयलो. बेगीन तागेलें लग्न करूंक जाय. भुरगीं कित्याक जावचीं ना? पयल्या लग्नांत दोनूच म्हयन्यांनी बीयेक कोंब फुटिल्लो. दुसरेक कोंब फुटलो नाजाल्यार जमनीचोच गूण. सत्याक हाडचें न्हय. दुसऱ्या कोणाकूय हाडुंया - असो विचार ताणें केलो.

हाचे उपरांत सुमार आठ दिसांनी सून - रंगम्मा गांवात आयली. चलो आतां कसो वागता ताचें वर्णन करून, आपूण तुमकूरांत गेल्ली तें आनी यजमान गेल्ले तेन्ना श्रीनिवासाचे वागणुकेविशीं सगळें रंगम्मान मांवाक सांगलें. मोटारलायनीचो हिशोब पळयनासतना दुसऱ्या वेसनाक लागिल्ल्याचें सांगलें. 'त्या ब्राह्मणाचे चलयेकडेन लग्न जावंक दिलें नाजाल्यार वा मान्यताय दिली नाजाल्यार तो लग्नूच जावचो ना आनी पिवन काबार जातलो.' अशें आपलें आनी आपल्या घोवाचें मत व्हडल्या पटेलाक सांगतकूच तो भियेलो. आनी ताका तिडकूय माल्ली. 'चल, हांवूय येतां तुजे वांगडा. ह्या बेताचे बडयेन तागेलें कंबर मोडून उडयतां.' अशें मोठ्ठ्यान उलयले. तो कित्याकूच बागोवपाचो ना अशें रंगम्मान ताका सांगलें.

मोटार घेवन बेंगळूराक वच म्हूण ड्रायव्हराक सांगून रंगम्मा गांवातूच रावली. व्हडलो गौडा हाचोच विचार करीत बसतालो. हातांत जपमाळ आसतना, देवामुखार बसून पूजा करतना, हांतुणाचेर पडून न्हिदतना लेगीत

मनांत एकूच विचार घोळटालो. ब्राह्मणाचे चलयेक क्षत्रियांच्या घरांत हाडपाची?

कांय क्षत्रियांनी आपल्या चलयांक ब्राह्मणांक दिल्ल्याचीं उदाहरणां पुराणांत आसात. दशरथ म्हाराजाचे चलयेक, शांताक, ब्राह्मण जातींतले ऋषीशृंग मुनीक दिल्ली. पूण ब्राह्मणाच्या चलयांक क्षत्रियांक खंय दिल्यांत? अश्यो पुराणांतल्यो यादी उपसून उपसून पळयल्यो. हाऽ, मेळ्ळी : ययाती म्हाराजान शुक्राचार्याची चली देवयानीकडेन लग्न केल्लें. आतां समस्या सुटिल्लेवरी जाली. पूण देवयानी राकेसांच्या गुरूंची चली. तिचेकडेन लग्न जावन म्हाराजाक मुखार सुख काय मेळ्ळें ना. निमणे तिणें आपल्या बापायकडल्यान घोवाक स्रापूच दिलो. तसो प्रसंग आयल्यार लेगीत, आतां स्राप दिवपाक तिगेलो बापूयच ना. दिवपाचो स्राप ताणें पयलींच दिला. पूण आपले चलयेक तो स्राप कसो दितलो? हेंच योग्य आसा अशें ताका दिसलें.

पूण त्या दिसा सत्यान भरिल्ले सभेंत येवन, जाती सगळ्यो फट, सगळे ब्राह्मण, कोणेय जानवीं घालूंक जाता, हांवूच घालतां म्हणिल्लें न्हय ताणें? तागेली तकली थाऱ्यार ना काय कितें? जातीच फट आसल्यार तें तरी कशें ब्राह्मण जातलें? ताका सून म्हूण कशें घरांत हाडपाचें? तेचबराबर आनीक एक दुबाव तांच्या मनांत आयलो. तें आतां गांवांत रावना. रयतांभशेन शेतांत रावन मातयेंत हात घालून काम करता खंय. व्हडल्या गौडाच्या घरांतल्यो बायलो केन्नाच शेतांत-भाटांत काम करपाक गेल्यो नात. तशे ते धाडपीय न्हय. आमगेल्या बायलांक मातयेक हात लावंक धाडल्यार आमगेल्या राजघराण्याक तें सोबपाक नाका? चली हाडपाक जाय जाल्यार तोलमोलाच्या घराण्यांतली हाडपाक जाय - ताणें येवजिलें. पूण ताचो प्रस्न काय सुटलो ना. सुनेकूच आपोवन परती ताचेर चर्चा केली. शुक्राचार्याचे चलयेकडेन ययाती म्हाराज लग्न जाल्लो असल्यो गजाली तिका कळनाशिल्ल्यो. तरिकूय त्या लग्नांन राजाक सुख मेळ्ळें ना अशें सांगतकूच तिका भंय दिसूंक लागलो. ह्या आमगेल्या लग्नानूय बरें जावचें ना. आतां तें शेतांत काम आनी खूब कश्ट करता खंय. तशें जाल्यार आतां तें आमगेल्याच लोकांभशेन जालें. पूण जानवें घालता खंय. तशें जाल्यार ब्राह्मण दादल्यापरस उंचेलें म्हणपाचें.

विचार करून करून आपल्याक येवजल्लो विचार रंगम्मान मांवामुखार मांडलो. 'हातुंतलें आपल्याक कांयच कळना. ग्रामदेवतेकूच विचारुंया. ती जशें सांगता तशें करुंया.'

ग्रामदेवता मारम्माचो उत्सव चैत्र म्हयन्यांत, म्हणल्यार होच म्हयनो. आनीक धा दिसांचेर आयिल्लो. त्यावेळार साडी, कुकूम, मणी-मंगळसूत्र, दागिने घेवन वचपाचें ग्राम मुखेल्याचें म्हणल्यार तागलें काम. पयलीं स्वता व्हडलो गौडा हें सामान दिवन येतालो. पूण उपरांत कथापुराण वाचून राजर्षी जातकूच हलके जातींच्या देवाची पुजा करपाची सोडून दिली आनी ध्यान, जप असले मार्ग ताणें आपणायिल्ले. गांवच्या राजानूच पुजा करपाक जाय ह्या नेमाक पुरायेन पाळो दितालो, पूण मारम्माचे पुजेचें सामान म्हणल्यार साडी बी व्हडल्या भावाचो चलो काळेगौडा हाच्या हातांतल्यान धाडून दितालो. तेंवूय काळेगौडा नोकराच्या हातांत दिवन स्वता ताचेवांगडा वतालो. पूण आतां सुनेचीं उतरां आयकून तांच्या मनांत अकस्मात मारम्माविशीं भक्ती तयार जाली. जेन्ना मनशाची बुद्द कांयच काम करूंक शकना तेन्ना देवाकूच विचारूंक जाय. पुरोयताच्या आंगांत येवन स्पश्टीकरण करून सांगपी देवी म्हणल्यार मारम्माच. आमगेलें कुलदैवत तिरुमल श्रीनिवास मारम्मापरस वयल्या दर्जाचो आसलो तरी मारम्माभशेन भविश्य सांगना. अमुकूच कर अशें म्हणना. सामको आग्रो करून विचारल्यारूच दावी वा उजवी वटेनची फुलाची पाकळी उडोवन सुचोवणी करता. दर्जो जसो तांचो व्हड तशें उलोवपूय कमीच जाता. सगळें इशाऱ्याचेर जाता. म्हगेलो चलो मेलगिरी लेगीत तसो. फकत नदरेनूच अधिकाऱ्यांक तो हुकूम सोडटा खंय. कांय मूर्ख आधिकाऱ्यांक तें सारकें कळना खंय. ही गजाल सुनेनूच सांगिल्ली. हे आतांचे समस्येक समजून घेवपाक आनी जाग्यार घालपाक मनमेकळेपणान उलोवपी जाय. तेखातीर मारम्माकूच विचारल्यारूच बरें - असो निश्चेव केलो.

कुलदैवता वांगडा ताका वेंकटेशाचीय याद जाली. शास्त्रा संबंदांत व्हडलेंशें खबर नासलें तरी तो हुशार. ताकाच विचारल्यार कशें? ब्राह्मणाची चली क्षत्रियाच्या चल्याक दिवंक जाता काय ना इतलेंच विचारपाचें. ताका निरोप धाडचे पयलीं मंत्रीच येवन हाजीर जालो. श्रीनिवासाक बेंगळूरांतल्यान मोटारीन पंचवीस बाटल्यो तुमकूरांत घेवन वतना नेलमंगळ लागसार पुलिसांनी धरिल्लो खंय. उपरांत बेंगळूरांत आपणाक फोन येतकीच गृहखात्याच्या उपसचिवाचे मजतीन डी.एस.पी क फोन करून आपणे ताका सोडयलो अशें सांगून श्रीनिवासाचें बेगीन लग्न करून सोडपाक जाय हेंवूय सांगलें. आतां आनी वेळ करपाक जायना. गावांत गेल्ली रंगम्मा आयलीच ना म्हूण मंत्री स्वताच आयिल्लो. ताणें बापायचो विचार आयकलो. वेंकटेशाक हाचेविशीं विचारप अपायकारक. तो भितरूच सुरींग दवरपाक शकता. आपले भयणीक कितेंय सांगून तागेलें मन

वळोवपाक शकता. पयले फावटी लग्न केलें ना म्हूण ताका तिडक मारिल्लीच आसा, अशें येवजून, 'ताका बातमी मात लेगीत कळूंक दिवपाक जायना. मागीर हांवूच ताका सांगतां.' मंत्र्यान म्हणलें.

'तशें जाल्यार आमी मारम्माक विचारुंया.' रंगम्मान म्हणलें.

'तिका आनी कितें विचारपाचें?'

'बरें जावंक जाय काय नाका? आयजवेर घडलें ना तें करपाक वतात आमी. तेखातीर व्हडले गौडा लेगीत विचारुंया म्हणटात.'

मारम्माक विचाल्लेबगर व्हडलो गौडा आनी रंगम्मा, दोगांय तयार नात हें मंत्र्याच्या लक्षांत आयलें. खंयच्याय कामाची शंबर टक्के जापसालदारकी आपल्या आंगार घेवची न्हय हें ताका खबर आशिल्लें. 'तुमी असो सल्लो दिल्लो, हांव मान्य केलें.' म्हणपाक आपणें मेकळो रावंक जाय. संदीचो लाव घेवन काम करप आनी त्या तंत्रान वागप ही पद्धत ताका सामकीच संवकळीची जाल्ली. मारम्मान नाका म्हणल्यार कितें करपाचें असो प्रस्न उप्रासलो. पूण ग्रामदेवतेची शक्त पुरायपणान न्हयकारप ताकाय जमलें ना. 'तशें करात. पूण हातूंत चड वेळ जावंक जायना.' ताणें म्हणलें.

'आठूच दिसांचो प्रस्न आसा. हांव स्वता वचून देवतेक विचारतां.' व्हडल्या गौडान आश्वासन दिलें. मारम्माचो उत्सव सोंपतकूच आपूण बेंगळूरांत येतली म्हूण रंगम्मान सांगलें. मंत्री एकलोच बेंगळूराक गेलो.

**4**

तिरुमलापूरांत कांय वर्सांपयलीं जितल्या गडगडाटान मारम्माचो उत्सव जातालो तितलो हालींसरा जायनाशिल्लो. देवाक बोकडी-रेडो बळी दिवचो न्हय म्हूण सरकारान शिटकावणी दिल्ली-इतलेंच न्हय आश्रमांत कांय वर्सां रावन आयिल्लो बेट्टटय्या लेगीत हरिजनांचो मुखेली जायतसावन मारम्माक फुलां-फळांचो निवेद्य पुरो, रगताचो बळी दिवचो न्हय ह्या तत्वाचें पालन करतालो. ताच्या जातींतले सगळ्या जाणांक हो मार्ग आवडूंक नासलो तरी उत्सवाचो नेट मात आतां पयलींभशेन नाशिल्लो. वर्सांतल्यान एकफावटी कशेयभशेन गांवांत श्रीनिवास देवाचो रथोत्सव जातालो. तेन्ना तटबंदीच्या मुखावयल्या भागांत बसस्टँडा म्हऱ्यांत मिठाय, कागदाचीं फुलां, बत्ताशे, पेपारीं, बावल्यो हांची जात्रा भरताली. 'श्रीनिवास कल्याण', 'गरूड गर्वभंग' सारकेलीं विष्णुमहिमेचें खंयचेय एक नाटकूय करताले. चैत्र म्हयन्यांतच हें चलतालें. त्याच म्हयन्यांत

मेंडर-रेडो हांकां बळी दिनासतना मारम्माचो उत्सव केल्यार तातूंत कितें विशेश? लोक कशे जमतले? हालींसरा रगताचो बळी बंद केल्ल्यान देवी पुरोयताच्या आंगार येनाशिल्ली. तेखातीर लोकांक आपलें भविश्य विचारपाची संद मेळनाशिल्ली. तेखातीर ग्रामदेवतेक कोण मान-सन्मान दिनाशिल्ले.

व्हडल्या पटेलान मांग समाजांतल्या सत्तिगाक रकाद धाडलो. बेट्टय्या बेट्टग जावचे पयलीं सत्तीगाच त्या वाड्याचो मुखेली आशिल्लो. बेट्टय्यापरस सात-आठ वर्सांनी व्हड आशिल्ल्या सत्तिगाकूय हेरांभाशेन मंगळूरी नळ्यांचें घर, जमीन मेळिल्ली तरीय तो ती जमीन वापरपाच्या तजविजेंत नाशिल्लो. पुराय गांवूच मांगाचे देखरेखेखाला आसतना ताका स्वतंत्र जमीन कित्याक जाय अशे तागेले विचार आशिल्ले. शिंदी झाडाक कुयणीं लावपाचेर सरकारान बंदी घालतकूच तांदूळ आनी गोड वापरून सोरो तयार करून तांणी आपलो 'जातीधर्म' सांबाळून दवरिल्लो.

राजवाड्याच्या भायरूच उबो रावन सत्तिगान आपूण आयिल्ल्याचो रकाद धाडलो. व्हडलो पटेलान वारांदार बसका आशिल्ले गादयेर कृष्णाजिन घालून ताचेर बसून विचारलें : 'अम्माचो उत्सव केन्ना आसा?'

'ह्या मंगळारासावन आठ दिसांनी आसा.'

'म्हाका एक प्रस्न विचारपाक जाय.'

'ती आतां सारकी आंगार येना.'

'कित्याक?'

'रेड्याचें धड जमनीर पडलेबगर ती कशी आंगार येतली? तुमगेल्या चल्यान मंत्री जावन अम्माक उपाशीं दवरपासारकें केलां.'

'हे फावटी मारात. रेड्याची वेवस्था हांव करतां.' अशें व्हडल्या गौडान म्हणलें.

'पूण तशें केल्यार पुलीस धरून हाताक बेडी घालून व्हरतात खंय.'

'तें हांव पळोवन घेतां.'

'दोन बोकडे तरी जाय.'

'कितलोय खर्च जाल्यार हांव दितां. कितें कितें लागता तें सांग. गांवांत जावपाचें काम जावंकूच जाय. रीत-रिवाज मात लेगीत चुकपाक जायनात. गांवांत दवंडी पेटयात. आनीक कोणाक बळी दिवपाक जाय तांकां दिवंदी.'

सत्तिगान त्या दिसा दवंडी पेटयली. व्हडल्या गौडान थळाव्या पुलीस सब इन्स्पेक्टराक रकाद धाडून ह्या वर्सा बळी दिवपाक मान्यताय दिवची असो हुकूम सोडलो. गांवच्या लोकांक खूब उमेद जाली. आठ वर्सांसावन नाशिल्लो

बळी ह्या वर्सा अम्माक मेळटा. आठ वर्सां जालीं गांवातलें तळें उदकान भरनाशिल्लें. एक वर्सा भरल्यार दुसऱ्या वर्सा ताच्या अर्द वांट्यान लेगीत भरनाशिल्लें. नाल्लांचें भाट आशिल्ल्यान भोंवतणचे लोक सुखांत रावताले. पूण दरवर्सा जिणेक गरजेच्या वस्तूंचे दर वाडटाले. अम्माचो कोप हाचें कारण आसपाक जाय. तेखातीर लोकांचे बरें जावचें म्हणुनूच व्हडले पटेल ही जात्रा घडोवन हाडटात. सगळ्या जातींचें स्थान थारावपाखातीर ते सिंहासनाचेर बशिल्ले. निमाणें झगडीं जावन सगळोच बोवाळ जालो. सांगपाचें म्हणल्यार तेन्ना खून जावपाचे. पूण सुदैवान तसली घडणूक जाली ना. त्या सगळ्यांचे शांततायेखातीर बळी दितात. एकेकलो आपापले भाशेन उलयतालो. भौतेक ब्राह्मण, लिंगायत, गौडा, शिकारी, सगळ्या जातींतल्या लोकांनी गांवाच्या कल्याणाचे नदरेन जावपी उत्सवाचें स्वागत केलें.

मारम्माचें देवूळ आशिल्लो जागो तिरुमलापूरांतल्या इतिहासिक वादाचो एक अंश. श्रीनिवासाच्या देवळालागसारच्या व्हाळाकडल्यान सकयलेवटेन देंवल्यार एक व्हडलो व्हाळ. ताचेमुखार शेत. ताचे उपरांत भाट. भाटांतल्यान म्हारांवाड्यार वचपाचे वाटेर अम्माचें देवूळ आसा. म्हणल्यार पयलीं तें म्हारवाड्यांत आशिल्लें अशे कांय जाण म्हणटात. तर पोन्नें तिरुमलापूर देवळा म्हऱ्यांत आसतना मारम्माचें देवूळ गांवांतूच आशिल्लें असो वाद घालपीय लोक आसात. मांगाचें देवूळ वयले जातींतले वसतेंत कशें आसतलें ह्या आक्षेपाक व्हडलेंशें म्हत्व नाशिल्लें. कित्याक म्हणल्यार खंयचेय जातींतलो उंच-उणाक असो फरक दाखयनासतना सगळ्या देवांची पुजा करप हीच तिरुमलापूरची परंपरा आशिल्ली. चडूच म्हणल्यार श्रीनिवास आनी शांतेश्वर हांचेविशीं मतभेद आसतूय. पूण सांसर्गिक रोग, प्लेग, ओंकारे, देवी सारकेल्या उग्र दुयेंसाचे देवीविशीं भेदभाव दाखोवपाची धिटाय कोणाक आसा? तिरुमलापूरांत आतांय तशेंच आसा. श्रीनिवासाच्या देवळाक अय्याचें देवूळ आनी मारम्माच्या देवळाक अम्माचें देवूळ म्हणटात. अय्या आनी अम्मा दोगांय भाव-भयण खंय. अम्मा उत्सवाच्या वेळार मिरवणुकेन भायर सरतकूच अय्याच्या देवळामुखार येवन सकयल देंवन नमस्कार करून वता. भावाचेर भक्ती दाखोवपी भयण खंय ती. अय्याक दिल्ल्या बळींतलो एक अंश अम्माच्या वांट्याक येतालो. पयलींच्या काळांत अम्माक बळी दिवपाक काडिल्लो रेडो चडावत अय्याच्या देवळाकडेनूच चरतालो. आपले धाकटे भयणीक बळी वचपी रेडो आपल्याच वाठारांत चरून धश्टपुश्ट जावचो अशी अय्याचीय इत्सा आशिल्ली.

मंगळारा राती उत्सव. सोमाराच सत्तिगा आनी तागेल्या मनशांनी पाचव्या रंगाच्या कपड्यांचो माटोव घालो. व्हडलो गौडा मुखार सरून बळी दिवपाक सोदता हें कळटकूच बेट्टय्यांक खूब वायट दिसलें. देवाच्या नांवान हिंसा करप लेगीत पातक असो ताचो आश्रमांत वचत सावन विस्वास आशिल्लो. व्हडल्या गौडाच्या घराकडेन स्वता वचून ह्या विशयाचेर तो उलयलो. कृष्णाजीनाचेर बशिल्ल्या यजमानान म्हणलें, 'हें पळय बेट्टय्या, हें एकूच फावटी करतां. खंयच्या देवाभितर कसली शक्त आसा तूं जाणा?'

'देवाचे शक्तीची जाणविकाय आशिल्ली जाल्यार आमी कित्याक मनशाच्या रूपान जल्म घेतले आशिल्ले गौडा?' अशें बेट्टय्यान म्हणलें.

'आतां कसो सारको उलयलो. एकंदरीत लोकांचें बरें जावचें म्हूणच हो उत्सव करपाचो.'

बेट्टय्याच्या मनांत दुबाव आयलो. जातींचें स्थान थारावपाच्या दिसा झगडीं जाल्लीं. त्या दिसा खून लेगीत जावपाचो. पूण जालो ना. ताचे शांततायेखातीर हें करतात दिसता अशें ग्राममुखेली उलयतालो तें बेट्टय्यांच्या कानार पडिल्लें. पूण हाचेखातीर बळी दिवपाक जाय? फळ, नाल्लान देवतेक निवेद्य दिल्यार आनी प्रार्थना केल्यार जायना? ताणें चड वाद घालो ना. तरीलेगीत मन शांत जालें ना. अहिंसेची कल्पना ताच्या मनांत खोलायेन रुजिल्ली. पूण देव-देवतांचो प्रस्न आयल्यार अहिंसेचें तत्व तितलें घटसाण घेवन रावनाशिल्लें. 'सत्याक तरी विचारूंक जाय' अशें म्हूण बेट्टय्या व्हडल्या गौडाकडेन चर्चा करिनासतना सत्याच्या भाटांत गेलो.

मंगळारा सकाळीं गांवातले ब्राह्मण, लिंगायत, शेट, सातानी हे मांसाहार करिनाशिल्ल्या बायलांनी धंयाचें शीत आनी तंबीट असलें रांदप केल्लें. हळद-कुंकूम, कणेर, तांबड्या रंगाचीं फुलां वा तीं मेळ्ळीं नाजाल्यार तांबडे दसणीचीं फुलां आनी हेर पूजेचें साहित्य घेवन अम्माची पूजा करपाक सगळे भायर सरले. म्हगलो अप्पा मेलो, धाकटी भयण एकलीच रावता. ह्या सगळ्या कारणाक लागून घराचें बरें जावंचे म्हूण वेंकटेशान देवीक तांबडो खण दिलो. गांवांत, आपणालो भाव अश्वत्थाचें कल्याण जावं, तागेलें लग्न जावंदी अशी प्रार्थना करून जयम्मान बाळंटेराक गेल्लेकडेन दिल्ली घडी मोडनाशिल्ली साडी घेवन देवतेची होंट भल्ली. ह्या सगळ्यागेर त्या दिसा धंयाचें शीत आनी तंबीटाचोच बेत केल्लो. मांस खावपी लोकांचो सण दुसऱ्या दिसा आशिल्लो.

रात जावपाक आयली तशी अम्माचे नवे मूर्तेची मिरवणूक व्हडा दबाज्यान तुतारी आनी नगाऱ्याच्या आवाजांत गांवांकडेन गेली. आयच्या दिसा म्हार-

मांग असो भेदभाव नाशिल्लो. देवीचे मिरवणुकेबराबर सगळ्यांक गांवभर भोंवपाक मेळटालें. मिरवणूक तटबंदीच्या दाराकडेन आयली तेन्ना हेर गांवकारी लेगीत तातूंत भरसले. व्हडा दबाज्यान देवीक गांवातले शेटीचे गल्लींत घेवन आयले. पुराय गांवात वट्ट आठ शेटींची घरां. तांगेले मुखेली ईराचार्य पयलींसावन अम्माक अळंकार करीत आयिल्ले. आठ वर्सांनी आतां परतें तांचेकडेन हें काम आयिल्लें. तांच्या घरामुखार देवीक देंवोवन तिचे भोंवतणीं आडस केलो. ईराचार्यान पड्ड्याच्या आड ब्रशान अम्माचे दोळे, नाक, भुंवयो, तोंडाक फावो तसो उग्र रंग दिवन रूप पळोवपाक भयानक केलें. दोन बोकड्यांक हाडून त्या भयानक दोळ्यांचे नदरेमुखार तकली कापून बळी दितकूच तो आडस काडलो. देवीक परती वयर काडून धोल ताशांच्या गजरांत, मशालीच्या उजवाडांत मूर्तेक घेवन मिरवणूक मुखार गेली. इतल्यांत मिरवणुकेक आनीक लोक एकठांय जाले. पूण सगळी गर्दी देवीचे फाटल्यान वताली. अम्माचे मुखार कोणूच चलनाशिल्लो. तशें केल्यार राहुचो कोप जाता असो समज आशिल्लो. ब्राह्मण चलयेकडेन लग्न जाल्लो मांग जातीच्या घोवाचो धाकटो भाव रणगय्याचो भेस घाल्लो मात अम्माचे मुखार नाचून आवय, बापूय, कपडे, गर्भ हाचेवयल्यान गाळी मारीत, गांवांतल्या घरांचे दिकेन थू थू करीत देवी मुखार चलतालो. ताच्या तोंडांतल्यान गाळी येतात त्यो आयकुवप होच कितल्यातरी जाणांचो मनोरंजनाचो विशय आशिल्लो.

गांवातल्या सगळ्या गल्ली-पायणींतल्यान भोंवन मिरवणूक किल्ल्याचें दार, बांदावयलीं शेतां हुपून अय्याच्या - श्रीनिवासाच्या देवळामुखार येवन कांयवेळ रावली आनी अम्माच्या देवळाकडेन गेली. तितले म्हणसर मध्यान्न जावपाक आयिल्ली. देवळाच्या शेजरा मेकळ्या जाग्यार पाचव्या रंगाच्या माटवाच्या दाराकडेन पॅट्रोमॅक्साचो दिवो खांब्याक बांदून यजमान व्हडलो पटेल स्वता देवीक ओंपपाचें सामान एका पांटल्यांत घेवन उबो राविल्लो. मिरवणूक येनाफुडें देवीक पांय पडून, होंटीचें सामान काडलें. तातूंत नवी हळदुवी साडी, काळे मणी, वेडे आशिल्ले. ताणें दिल्लें सगळें समान पुरोयतान देवीक घालें. मिरवणूक श्रीनिवास देवळाकडल्यान मुखार वचपाक लागिल्ली तेन्नाच व्हडलो पटेल ताशे आनी वाजंत्र्यांच्या आवाजांत हांगा आयिल्लो.

मारम्माची त्या माटवांत स्थापना करतना गांवात आनीक एक मिरवणूक चलताली. ती हांगा पावतकीच रणगय्याचो भेस घाल्लो मनीस गांवाकडेन वचून ते मिरवणुकेंत भरसलो. त्या दिसा बळी दिवपाखातीर व्हडल्या पटेलान दिल्ल्या रेड्याच्या शिंगाक आनी कपलाचेर तेल घालून बरें सारयलें. रेड्याच्या शिंगाक

कडुलिंबाच्यो ताळयो बांदून, ताच्या कपलाचेर कुकूम लायिल्लो. ही मिरवणूक म्हणल्यार रेड्यावांगडा सुमार धा-पंदरा मांग जातींतले दादले आशिल्ले. देवीचे मुखार नाचील्लेवरीच रणगय्याचो भेस करून आतां तो रेड्यामुखार नव्यो नव्यो गाळी मारीत, आड्ड्यो मारतालो. सगळ्या घरांमुखार रेड्याक उबे करताले. घरांतले लोक ताच्या आंगार उदक ओतोवन ताच्या शिंगाचेर आनी तकलेचेर इल्लेशें एंडेल ओतोवन, कपलार हळद-कुकूम लायताले. गांवातल्या सगळ्या मुखेल रस्त्यांवयल्यान मिरवणूक काडून रेड्याक मारम्माच्या देवळामुखार हाडलो तेन्ना फांतोड जाल्ली. रेड्याक हाडून ताच्या गळ्यांत, शिंगांक आनी नाकांतल्यान दोर घालून बळीखांब्याक घट्ट बांदिल्लो.

गांवातले अर्द्यापरस चडूच लोक थंय एकठांय जाल्ले. मांग वसतेंतलीं सात्तिगा वटेनचीं सगळीं सोयरीं आयिल्लीं. शेजारच्या गांवांतले लोक बोकड्यो, मेंढऱ्यो, कोंबयो घेवन आयिल्ले. यजमान व्हडलो पटेल उंचायेर आशिल्ल्या एका फातराचेर बसून हो सगळो प्रकार पळयतालो. खूब लोक जमिल्ले. कितली गर्दी! ब्राह्मण, लिंगायत आनी वयले जातींतले कांय दादले थंय आयिल्ले. सगळो प्रकार पळोवपाच्या उद्देशान सत्या लोकांच्या मदेंकात उबें राविल्लें. लोकांचें लक्ष रेड्याचो बळी कसो दितात ताचेकडेन आशिल्लें. सत्यान रयत बायलांवरी माथ्यार पदर घेवन मुखार ओडिल्ल्यान इतल्या लोकांमदीं कोणाचेंच ताचेकडेन लक्ष गेलें ना.

हातांत धोल घेतिल्लो एकलो रेड्याक बांदला थंय आयलो आनी ताणें धोल वाजोवपाक सुरवात केली. उपरांत त्याच धोलाच्या तालार ताणें मारम्माची कथा गावपाक सुरवात केली. सगळ्यांक खबर आशिल्ली अशी ही कथा आसून लेगीत, सगळे उत्सुकतायेन आयकताले. एक मांग तरणाटो फट सांगून कसो वेदविद्या शिकलो, फटिंगपणान कशें ताणें ब्राह्मणाचे चलयेकडेन लग्न केलें. तागेले पातकी हात कशे तिगेल्या स्तनाक स्पर्श करताले. शारिरीक संबंद दवरून जाल्लीं भुरगीं, चल्याचे भेटेक आयिल्ली आवय, बायलेक मागीर खरी गजाल कळटकूच घराभोंवतणीं तण घालून उजो लावन तिणें घोव आनी भुरग्यांसयत स्वताक लासून घेतलें. हें सगळें ताणें विस्तारान गाण्यांतल्यान प्रगट केलें. हो रेडो म्हणल्यार तिगेलो फट उलयिल्लो घोव, हांगा बळी दिवपाक हाडिल्लीं तीं बोकडां-मेंढरां-कोंबयो तिगेलीं भुरगीं.

गाणें सोंपतकूच परते धोल बडोवपाक लागले. परतो रणगय्याचो भेस घाल्लो तरणाटो गाळी मारीत, भोंवतणी उबे राविल्ल्या लोकांच्या तोंडार, आंगार पडपासारकें नेटान थू थू थू करून थुंकलो. पुरोयतान अम्माक मंगळारत

दाखोवन तिगेलें तीर्थ हाडून रेड्याचे मानेर ओतयलें. त्या गांवचे रितीप्रमाण शिकारी जमातींतल्या मल्लनायकान रुंद पात्याचे कुराडेन तीनूच घावांनी त्या रेड्याची गोमटी धडावेगळी केली. तागेले हात, तागेल्या हाताची ताकद आनी तीनूच घावांनी गोमटी धडावेगळी केल्ली पळोवन लोकांक मल्लनायकाची अपुरबाय दिसली. म्हऱ्यांतूच नवें मडकें घेवन उबो राविल्लो मुखार आयलो आनी ताणें रेड्याच्या गळ्यांतल्यान घसघशीत व्हांवपी रगत तातूंत भरून घेतलें. मल्लनायकान रेड्याचो उजवो पांय कापलो आनी गोमटेंतली जीभ भायर ओडून, कापिल्लो पांय तोंडांत आडवो दवरलो.

बायलांच्या पंगडात बशिल्ल्या सत्यान आपल्या शेजरा बशिल्ले एक जाणटेलेक विचारलें, 'तागेलो पांय तोंडात कित्याक दवरलो?'

एकाग्रतेन मुखावयलो देखाव पळयतले ते दांत नाशिल्ले जाणटेलेन म्हणलें, 'कथा आयकली ना? लक्ष खंय आशिल्लें तुगेलें? तो फटकिरो मांग ते ब्राह्मणाचे चलयेचे स्तन उजव्या हातान धरतालो न्हय. म्हूण तो हात कापून तागेल्या तोंडांत घाला.'

मागीर रेड्याचे तकलेवयली बांदिल्ली दोरी काडून तोंडातलो आडवो पांय पडचो ना अशेतरेन ती थंयच्यान व्हरून अम्माचे मूर्ती मुखार बांदिल्ल्या ल्हान माटवाच्या मदेंकात मात्शे उंचायेर दवरली. मेल्ल्या रेड्याच्या पोटांतलें रगत-मांस रेड्याच्या शिंगाक, कपलाक, नाकाक सारयलें. उपरांत बळीच्या खांब्याकडेन कितल्योतरी बोकड्यो-मेंढरां कापलीं. खूब वर्सानीं मारम्माचो उत्सव जाल्ल्यान फकत तिरुमलापूरांतले लोकूच न्हय, तर भोंवतणच्या गांवांतले लोकूय आपल्याक परवडटा तशे बळी घेवन आयिल्ले. तीं सगळीं मारम्माचीं भुरगीं जाल्लीं. सत्या मात त्या रेड्याचो विचार करतालें. ताणें ल्हानपणांतसावन ही कथा आयकल्ली. गोरो, गोमटो दिसपी मांग चलो. वेद सहजतायेन शिकपाइतलो बुदवंत. फट सांगून ब्राह्मण चलयेकडेन लग्न जालो. भुरगीं-बाळां जालीं. खरी गजाल कळटकूच तिणें घोव आनी भुरग्यांवांगडा घराक उजो लावन लासून घेवन मेली. तिगेली धार्मिक श्रद्धा तशी आसतली. पूण घोवान जें कितें केलें तें व्हडलें पातक केलें? ब्राह्मण जावपाची इत्सा ताचेभितर आशिल्ली. वेदविद्या सहजतायेन शिकपाची बुद्दय ताचेकडेन आशिल्ली. तसो तो शिकलो लेगीत. इतलें आसतना बायल अशी वागली. पूण आयजवेर ते घडणुकेची याद करून दिवपी हो उत्सव, हो बळी, हो संदेश कित्याखातीर? हो उत्सव करपाचो, अशेतरेन करपाचो हें पयलीं कोणाक येवजलें? आपले जातीचें पावित्र्य लोकांच्या मनाचेर रुजोवंक ब्राह्मणांनीच ह्या

उत्सवाक सुरवात केली काय? मनुधर्मशास्त्राचो विचार करून पळयल्यार हें अशेंच घडलें आसतलें अशें दिसता. पूण स्वताक सकयले जातींतले मानपी हेच लोक, ह्या पातकाची जाणविकाय मनांत दवरून, ती स्वताचे इत्सेन भोगून ताचे मजतीन आपले जातीच्या एकवटाची राखण करिनात? असल्या कितल्या तरी प्रस्नाचेर तागेली बुद्द विचार करताली. आपणे पंदरा दिसां पयलीं, सगळे ब्राह्मणूच म्हूण घोशणा दिल्ल्याची याद जाली. पूण हांगा उंच जातींतले लोकूय रेड्याचेर तेल ओतोवन हळद-कुकूम लायिल्ले दिश्टी पडले. ते अम्माकूय भेटी हाडटात आनी दितात. प्रत्यक्ष बळी दिलो ना जाल्यार लेगीत हे बळी प्रकरणांत नैतिक नदरेन वांटेकार जातात. खंय गेलें तें ब्राह्मणपण? वचत थंय शूद्रपणूच दिश्टी पडटा. ह्या पुराय गांवात एकूय ब्राह्मण ना - अशें सत्यान मनांतल्या मनांत म्हणलें.

ह्याच विचारांत तें आशिल्ल्यान मुखार चलपी गजालींचेर, विधीचेर तागेलें लक्ष नाशिल्लें. हेवटेन चर्मवाद्य रांव, रांव, रांव, रांव अशें नेटान वाजोवपाक सुरवात जाली. मूर्तेच्या मुखार उबो रावन पुजारी धोलपाक लागलो. आपल्या मनांतलो प्रस्न विचारपाचो वेळ आयलो म्हूण व्हडलो गौडा उबो रावलो. पुजारी माटवाच्या दारांत लायिल्ली कडलिंबाची ताळी काडून कचकचीत चाबूंक लागलो. हाडिल्लो सोऱ्याचो बुडकुलो खूब येत्न करून, दुसऱ्या मांगान ताच्या हातांत दिलो. पुरोयतान तो गुटगुटीत घेतलो. आनी तांबड्या इंगळ्यांवरी दोळे आनीकूय वाठारून भूत-भविश्याचेर नदर घाल्लेवरी उबो रावलो. व्हडल्या गौडान म्हऱ्यांत वचून हात जोडले आनी म्हणलें, 'अम्मा, आमगेल्या मनांत आशिल्ल्या प्रस्नाची जाप दी. तुवें सांगचें म्हूण आमी तुजी इतली सेवा केल्या.' अशें म्हणलें.

उपरांत आंगार देवी आयिल्ल्या पुजाऱ्यान करकरीत दांत चाबले आनी, 'अम्माचेर विस्वास दवर आनी सत्यान वाग. तिका सुखांत दवर.' अशें आड्डी मारून सांगलें. इतलें जातकूच तो हेवटेन तेवटेन धावंक लागलो. आतां देवी तागेल्या आंगांतल्यान वतली आनी तो सकयल पडटलो हें सगळ्यांकूच खबर आशिल्लें. लागींच आशिल्ल्या चौगांनी मुखार सरून ते पुजाऱ्याक ल्हवूच सकयल न्हिदोवन ताका वारो घालूंक लागले.

परते एकफावटी हात जोडून व्हडलो गौडा घराकडेन वचपाक लागलो. तितले म्हणसर उजवाड जावपाक आयिल्लो. व्हडल्या भावाचो चलो काळेगौडा आनी घरांतले दोगजाण नोकर यजमानाच्या वांगडा राखणदाराभशेन ताच्या फाटोफाट वचपाक लागले. मारम्माच्या उलोवण्याचो अर्थ कितें अशें येवजीत

यजमान पावलां घालूंक लागलो. देव केन्नाच मेकळेपणान स्पश्ट सांगना. आमीच ताचो अर्थ लावन घेवपाक जाय. अम्माचेर विस्वास दवर. आमी तिचेर विस्वास दवरूनच आसात. अम्मा म्हणल्यार कोण? अशें! म्हाका आतां कळ्ळें. अम्मा म्हणल्यार ब्राह्मण चली. 'सत्यान वाग' म्हणल्यार त्या मांगान जशें फट सांगलें तशें फट उलोवंनाका. तिका सुखान दवर म्हणल्यार लग्न जातकूच सून म्हूण घरांत येतकूच तिका कामाचो घस्टो काडपाक लायनासतना, केन्नाच गाळी मारिनासतना ती जें म्हणटा ताका मान्यताय दिवन तिका सुखान दवरूंक जाय. तशें पळोवंक गेल्यार आमगेल्या घरांत लग्न करून आयिल्ले सुनेन कित्याक काम करूंक जाय? आमगेलें कितें सामान्य रयताचें घर? सुनेक, चलयांक शेतांत कामाक धाडूंक? चांदी, भांगर, पयसो-आटको खंयचे बाबतींत फाटीं आसा आमगेलें घर? तिच्यान उखलूंक जावचें ना इतलें भांगर तिच्या आंगार घालुंया. पूण ताचे फाटोफाट कालचे रातीं आयकल्ले कथेची परती याद जाली. ब्राह्मण चलयेकडेन लग्न जावन तो मांग बळी पडलो आनी मरून गेलो असो ताणें विचार केलो. पूण आमी मांग न्हय, क्षत्रिय. ब्राह्मण चलयेचें क्षत्रियाकडेन लग्न जाल्ल्याचीं उदाहरणां आसात. फाटीं असलीं प्रकरणां खूब जाल्यांत. आयज अम्मानूय परवानगी दिल्या. तेखातीर पुरोयत वेंकटरमणय्याचे चलेयकूच सून म्हूण हाडपूच योग्य, अशें येवजीत ताणें घरांत पावल दवरलें.

## 5

अम्मामुखार दिल्लो बळी पळोवन सत्या घराकडेन येवन न्हिदलें. दनपारां सुमार बारा वरांचेर उठून तोंड धुवन रांदपाक दवरून मुखावयल्या कुंडांत न्हातना तागेलें मन फकत मारम्माचेच कथेचो विचार करतालें. ही कथा फकत आमगेल्याच गांवात प्रचलीत आसा काय हिंदुस्थानाच्या हेर भागांतूय आसा हाची चवकशी करपाक जाय अशें सत्यान येवजिलें. मोहनदासाक उतर दिल्लेप्रमाण पुस्तकाचें कच्चें लिखाण पूर्ण जाल्लें. परतून एकफावटी सारकें बरोवपाक तें मीराकडेन दिवन बरी प्रत तयार करून घेवपाक जाय आशिल्ली. मोहनदासान बरयिल्लें प्रकरणूय तितले म्हणसर येतलें. तें सारकें तपासून पळोवंक जाय. आनी तातुंतली शैली लेगीत पळोवंक जाय. काल आयकल्ले कथेच्या आनी उत्सवाच्या संदर्भांत हातबरपांत मात्सो बदल करपाक जाय.

न्हाण आटपून, रांदप करून संध्यावंदन केलें. हालींसरा तें सदांच हवन करतालें. घरांतल्यान अप्पाचें पुस्तक हाडून तें हवनाचे मंत्र्य शिकिल्लें. हवन करपाक वेळ मेळ्ळो ना जाल्यार संध्या तरी करतालें. जेवन ताट धुता म्हणसर तीन वरां जाल्लीं. उपरांत तें हातबरप तपासून पळोवपाखातीर कुंडाचे धडेर बशिल्लें. इतल्यांत वेंकटेश थंय आयलो. कसलो तरी गंभिरतायेन विचार करता हें ताच्या मुखामळावयल्यान दिसून येतालें. सत्या मुखार बसून ताणें विचारलें, 'आठ वर्सां जावंनाशिल्लो मारम्माचो उत्सव कित्याक जालो तें तुका खबर आसा?'

'सारको नेमान पावस पडूं, गांवाचें बरें जावंदी म्हूण.' सत्यान म्हणलें.

'तशें न्हय. भितरली गजाल वेगळीच आसा.' अशें म्हूण वेंकटेशान श्रीनिवास, मेलगिरीगौडा, रंगम्मा, व्हडलो गौडा हांचेविशीं सांगून, म्हणपाक लागलो, 'सामकें लिपोवन दवरलां हें.'

'तुका कशें कळ्ळें?'

'कशें कळ्ळें तें विचारूंनाका. पूण हांवें सांगिल्लें सत आसा.'

सत्याचें मन विचलित जालें. आतांमेरेन तसले विचार आयल्यार टाळतालें. केन्नाय विचार आयलोच जाल्यार मन विंगड विचारांत व्हरपाचो येत्न करतालें. तुमकूरांत मीरावांगडा गेल्लें तेन्ना श्रीनिवास दिश्टी पडिल्लो. पूण सत्यान ताका सारको पळयलो ना. आपलेखातीर ताणें स्वताचें वाटोळें करून घेतलां हाची सत्याक कल्पना लेगीत नाशिल्ली. आतां वेंकटेश सांगता तें आयकून सत्याचें मन भावनांनी भरून गेलें. तें गंभिरतायेन बसून रावलें. वेंकटेशान विचारलें, 'तितले म्हणसर ते तुज्या म्हऱ्यांत येतले. तूं कितें सांगतलें?'

तें कांयच उलयलें ना. कितें उलोवचें तें ताका कळ्ळें ना. कांयवेळान वेंकटेशानूच म्हणलें, 'तुगेलो जात कुळाचेर विस्वास ना अशें तांकां सांगून सोड. कितेंय सांग. लेक्चर दी. पूण तूं म्हगेली भयण, आमगेल्या घरांतली. जर तांच्या म्हणण्याप्रमाण तुवें लग्नाक हयकार दिल्यार एक मतींत दवर, म्हजो आनी तुगेलो संबंद तुट्टलो. अप्पाचो सोपूत घेवन सांगतां तुका.'

तागेल्या ह्या उतरांनी सत्याक तिडक मारली. 'तशें कित्याक म्हणटा? हांव ताचेकडेन लग्न केल्यार तातूंत तुकाय फायदो आसा.'

'कसलो फायदो?'

'एक बशीची लायन घेवन दितले.'

वेंकटेश तिडकलो. 'कितें म्हणटा तू हें? हांव कितें फकत पयशांखातीर जगतां अशें दिसता तुका? हें पळय, तूं स्वतापुरतें जियेता, बऱ्या मार्गान चलता

आनी म्हाका बस लायन मेळ्ळी जाल्यार हांव ती सोडचो ना. पूण तूं तांच्या घरांत वतकूच, तांणी बशीची लायन घेवन दिता म्हणल्यार हांव ताका हातलेगीत लावचो ना. ते चेडयेच्याकडेन उलोवपाचो लेगीत ना. म्हाकाय मान-मर्यादो आसात.'

सत्या ओग्गी बसलें. मात्सो वेळ ओगी रावन वेंकटेशानूच म्हणलें, 'पयलीं बरें स्थळ मेळ्ळें तेन्ना तांणी तुका सोडलें. तूं तांकां नाका जाल्लें. आतां तुगेले पांय धरपाक येतात. तुका स्वताचो मान-अभिमान आसा काय ना?'

त्या दिसा वेंकटेश वतकूच लेगीत ताका हातबरप तपासूंक जालें ना. वेंकटेश हांगासर येवन सांगून गेला त्या अर्थान तें सत आसतलें. गांवात कितें चलता हें म्हाका कळपाक मार्ग ना. तेभायर हांव इतिहासांत मग्न जावन गेलां. गांवाकडेन संबंद दवरल्यारूच आपले आपूण थंयच्यो खबरो कळटात.

श्रीनिवासान म्हैसूरांतल्यान पत्र बरयतसावन सत्याच्या जिवितांत कितल्यो तरी तीव्र घडणुको जावन गेल्यो. बेंगळूरांतले कॉलेजींतली नोकरी वचून कपड्याच्या दुकानांत नोकरी करची पडली. ह्याच लग्नाच्या निमतान अप्पांची मानसिक भलायकी इबाडली. उपरांत ते त्याच भ्रमांत रस्त्यार भोंवपाक लागले. मागीर सत्या गांवात आयलें. थंय येतकूच अप्पान ताका ब्रह्मोपदेश केलो. तागेलें मरण, ताचे उपरांत भियेनासतना दिसा आनी राती ह्या भाटांत रावप, अप्पा आश्रम म्हणटाले ते खोंपीच्या जाग्यार घर बांदून रावप, शूद्र बायलांवरी घाम गळोवप. मोहनदासाचो परिचय, ताका उतर दिल्ल्यान आनी पुस्तक बरोवपाच्या निमतान चार म्हयने वाचनालयांत एका विंगड जगांत वावरप. कालूच इतिहासाचें नवें रुप पळोवपाक मेळिल्लें. काल पळयिल्लो मारम्माचो उत्सव, बळी, असल्या भेसांत दिसपी हो नवो इतिहास, आठ वर्सांनी करपाचो निर्णय घेतिल्लो हो मारम्माचो उत्सव आपल्या लग्नाच्या संदर्भात केल्लो हें सत्याच्या लक्षांत आतां आयलें. हें लग्न केल्यार लाभ जातलो काय कितें हें भाराचेर जाणून घेवपाखातीर.

श्रीनिवासाच्या संबंदात आपल्या मनांत कसल्यो भावना आसात हें ताका कळनाशिल्लें. तुमकूरांत ताका पळयिल्लो तेन्ना तागेली बायल मरून सात-आठ म्हयने जाल्ले. तरिकूय ताका चुकोवपाखातीर तें सडसडीत चलून गेल्लें. कांयफावटी ताची सत्याक याद जाताली. पूण दोगांय म्हैसूरांत आसतना ज्यो भावना निर्माण जाताल्यो, तशे भाव आता मनांत येनाशिल्ले. एक दीस नोकर शेतांत नांगरणी करतालो. ताका कुशीक सरपाक लावन सत्यान नांगर हातांत घेतिल्लो. अनवळखी बायलेक पळोवन बैल हेवटेन तेवटेन वचपाक लागले.

तांकां कशे शांत करपाचे हें सत्याक खबर आशिल्लें. दोनूय बैलांक हातांतले बडयेन मारीत 'अर्रा' करून तें आड्डलें. ते जाग्यार आयले. त्या दिसा पयले फावट सत्यान नांगर हातांत घेतिल्लो. देखून नोकरान नांगरिल्ले आळी शेजराच तागेली आळ आयली ना. म्हूण तागेल्या नोकरान म्हणलें, 'भयणी, तुमकां जमचें ना तें.'

'कित्याक जमचें ना? आयज दनपारमेरेन हांव नांगरतां. तूं गोरवांक चरोवपाक व्हर.' सत्यान म्हणलें.

तशें सांगतकूच तो थंयच्यान गेलो. एक वरांत नांगराची आळ वेवस्थीत येवंक लागली. अर्र, एच्च, हो, एला, हुय् हे शब्द बैलांकूय कळपाक लागले. दनपारच्या बारा वरांचेर हेरांनी आपलें काम बंद केलें आनी आपले नांगर ताणी सकयल आडवे दवरले. गांवात परते वतना, सगळे रयत तागेलें नांगरप पळयताले. 'ब्राह्मणाची चली पळय कशें बेसबरें नांगरता.' अशीं दोगा-तिगांचीं उलोवणीं सत्याच्या कानार पडलीं.

दनपारच्या एक वराचेर सत्यान आपलें काम बंद केलें आनी भाटांतल्यान घरांत आयलें. दाव्या हातांचें तळट पळयलें जाल्यार रगत किणेवन सुजून दुखतालें. पूण तातुंतूय एके तरेचें साहशीपणांचें सुख जाणवतालें. घराकडेन येवन रांदप करून जेवतना श्रीनिवासाची याद जाली. आपणे आनी श्रीनिवासान हॉटेलांत वांगडा बसून खाण खाल्ली याद जाली. इतल्यांत अकस्मात सत्याच्या मनांत एक प्रस्न उप्रासलो. श्रीनिवासान केन्नाय असो नांगर हातांत धरून काम केल्ल्यान केन्नाय ताचो हात सुजला आसतलो? सत्याक खबरूच आशिल्लें, ताणें केन्नाच नांगर हातांत धरूंक ना. तो जावं, तागेलो बापूय जावं, तागेल्या आज्यानूय केन्नाच एक दीस लेगीत जोत खांद्यार धरलें ना. हातांत धरून लेगीत जोत चलयलें ना. श्रीनिवासाची आवय केन्नाच शेताचेर काम करपी लोकांक नाचण्याची भाकरी करून माथ्यार दवरून घेवन गेली ना. केन्नाच ती नडपाक, कापपाक गेली ना. सत्याक दिसतालें आपणें श्रीनिवास नांगरणी करतना पाटल्यांत भाकरी आनी चटणी, पितळेच्या तांबयांत उदक व्हरून ताका दिवन, एका बांदावयल्या झाडाच्या सावटाक ताका बसोवपाचो. आपणेंय ताच्या मुखार बसपाचें. मागीर ताणें म्हणपाचें, 'चटणी बरी तीख जाल्या.' अशेतरेन जेवतना तें पुरायपणान कल्पनेच्या विश्वात रंगून गेलें. पूण कांय वेळान तें भानार आयलें. श्रीनिवासाचें पयलींच लग्न जाल्लें. हें सगळें आतां अशक्य. इतलेंच न्हय, आतां हांव हातांत नांगर घेवन तरी जमीन कसतां. ताणें आयजवेर हातांत नांगर लेगीत घेतलो ना. हाचेफुडें लेगीत घेवचो ना. आतां तर तो चार बशींचो

धनी जाला. शॉवर्ले मोटारीचें स्टिअरींग तागेल्या हातांत घुंवता. आतां ताचे आनी आपले भितर खूब अंतर आसा. त्या दिसासावन श्रीनिवासाचे यादीसरशीं मनांत उत्पन्न जावपी ओलसाण आतां कमी जायत वचूंक लागली. यादी पुरायपणान अदृश्य जावं नाशिल्ल्यो. पूण ताचेविशीं ज्यो भावना एकठांय जाताल्यो, ताका आतां तितली तीव्रताय नाशिल्ली.

आतां तो म्हजे यादीन पिसो कसो जाला खंय. तागेले आवय, बापूय, आजो, सगळ्यांनी लग्नाक मान्यताय दिल्या, ग्रामदेवतेन बरो न्याय दिला खंय. हे खबरेन सत्याचें मन बुचकळ्यांत पडलें. आतां हांवें कितें करपाचें? असो सत्याच्या मनांत विचार आयलो. ताका विचारूं, 'श्रीनिवास, हांगा येवन शेतांत वावर करपाक तयार आसा?' तू खरो रयत? अशे ताका विचारचेंशें दिसलें. हो कसलो सादो प्रश्न अशें येवजून सत्याचें मन आनीक खोलायेन वचून कितेंतरी सोदपाक लागलें.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं णव वरांच्या सुमाराक दोन मातयेच्या बुडकुल्यांतल्यान उदक भरून तें नव्यान लायिल्ल्या कवाथ्यांक उदक दितालें. श्रीनिवासाची आवय भाटाचे वंयेचें दार उक्तें करताली ती ताका दिश्टी पडली. तिचेवांगडा आनीक बायलो आयिल्ल्यो. तांकां रंगम्मान भायरूच दवरिल्ल्यो. आनी रंगम्मा एकलीच भितर येताली. लागीं पावतकूच कळ्ळें, तिच्या हातांत रुप्याची तबकडी आशिल्ली. तांतूत एक रुप्याचो पेलो, हळदी-कुकमाचो करण, फुलां हें साहित्य आशिल्लें. पाळेगाराच्या घराण्याक आनी घोवाच्या मंत्रीपदाक सोबसारकी जरीची रुंद देग आनी पदर आशिल्ली साडी न्हेशिल्ली. गळ्यांत भांगराचो हार, नॅकलेस, एकेका हातांत भांगराचीं पांच-स कांकणां आशिल्लीं. तिका पळोवन पळोवंक नाशिल्लेवरी करून सत्या बुडकुल्यांतल्यान उदक भरून घालतालें. इतल्यांत रंगम्माच ताचे म्हऱ्यांत येवन उलयली. 'तूं हें कित्याक करता? नोकराकडल्यान करून घेवंक जायना?'

रयत समाजांतली जावन नोकराकडल्यान करून घेवचें न्हय अशें कित्याक म्हणटा अशें विचारचेंशें सत्याक दिसलें.

'बुडकुलो थंयच दवर. देवळांतलो प्रसाद हाडला. हात धुवन यो, प्रसाद दितां.'

सत्यान मुद्दामूच विचारलें, 'आयज बिरेस्तारा कसली पुजा केल्ली?'

'शुभ कार्य करचे पयलीं देवाची पुजा करपाक जाय न्हय? वच धुवन यो.'

सत्या हात धुवन आयलें. रंगम्मान ताच्या कपलाक कुकूम लायलो आनी वळोवंक नाशिल्ल्या केंसात प्रसादाचें फूल माळ्ळें. तागेलो उजवो हात मुखार

करून ताचेर रंगम्मान पेल्यांतलें पंचामृत घालून, 'पी' अशें म्हणलें. ताणें रुच पळयली. 'बरे जालां. येळ, बदामाचो पिठो, खडीसाकर सगळें सारकें पडलां.' अशें सत्यान म्हणलें.

'आमगेले व्हडले गौडा हें सगळें घालिनासतना अभिशेक करनात.' सत्या ओग्गी बसलें. तबकडी शेजरा दवरून रंगम्मा सत्याचे म्हऱ्यांत बसली. रंगम्मा कितें उलयतली हें सत्याक खबरूच आशिल्लें. कशी सुरवात करपाची हें रंगम्माक कळनाशिल्लें. शेवटाक कसली तरी याद जाल्लेवरी करून तिणें आपल्या दोनूय हातांनी आपल्या गळ्यांतलो पांच पोडाचो हार काडून सत्याच्या गळ्यांत घालून सोडलो. सत्या सामकें भियेलें. 'हे कसलें काम तुमगेलें?' अशें म्हूण तें हार काडपाक लागलें. रंगम्मान ताका तो हार काडपाक दिलोना. आनी तागेलो हात धरलो. 'काडूंनाका. काडूंनाका. देवान सांगलां. हांव सांगता तें मात्शें आयकून घे.' अशें म्हूण हात धरून विनवणी करुंक लागली.

'म्हाका भांगराची आस ना. हांगा पळयात, जानवें घालां हांवें. हाचेमुखार म्हाका भांगर आनी कित्याक जाय? भांगर करपाक जाय जाल्यार म्हजेकडेन पयशे आसात. आमगेल्या अप्पान म्हज्या नांवार दवरल्यात.'

रंगम्मा काचाबूल जाली. सत्यान जानव्याची गजाल सांगिल्ल्यान रंगम्मा गडबडली. तरिकूय तिणें कसली तरी याद करून म्हणून सोडलें, 'हें पळय, जावपाचें तें जावन गेलें. देवान सांगलें. मारम्मापरस कोणाचेंच उतर व्हड न्हय. तुवें धा फावटी उखल्ल्यार लेगीत सोंपचें ना इतलें भांगर आसा. तें सगळें तुगेलें. इतली जमीन, इस्टेट, ही सगळी तुगेली. तूं सुखान राव. श्रीनिवासाक जाग्यार हाड आनी राणयेभशेन राव. तूंच मालकीण. हांणीय तसोच निरोप धाडला तुजेखातीर.' अशें म्हणटां म्हणटां तिच्या दोळ्यांत दुकां भरून आयलीं. खंयचीय फाटभूंय खबर नासतना मनशाच्या उलोवण्यावेल्यान कितलो अर्थबोध जातलो? हें रंगम्माचे लक्षांत आयलें. पूण वेंकटेशान पयलीं भेट घेवन सगळें सांगिल्ल्यान सत्याक तें कळ्ळें. पूण हे सरळ मनाचे बायलेकडेन आनीक कसलोय वाद घालपाची सत्याची तयारी नाशिल्ली. आपणें कितेंय विचारल्यार ही रंगम्मा जाप लेगीत दिवंक शकची ना हाची सत्याक जाणविकाय आशिल्ली. जर आनीक कितेंय विचारल्यार रंगम्मा चडांतचड रडटली. असो विचार करून सत्यान म्हणलें, 'तुमगेले यजमान खंय आसात?'

'काल रातीं आयल्यात. घरांतूच आसात.'

'तांकां धाडून दियात.' अशें सत्यान सांगलें.

'धाडटां. पूण हांवें जें सांगलां तें आयकनाशिल्लेवरी करूं नाका बाय. तूंच म्हजी सून.' अशें म्हूण रंगम्मान परतो सत्याचो हात धरलो.

'हांव तांचेकडेन उलयतां. पूण हो हार तुमी घेयात' - अशें म्हूण सत्यान गळ्यांतलो हार काडपाक हात घालो.

'तो काडूंक जायना तुवें. म्हजो सोपूत आसा तुका.' अशें म्हूण सत्याचो हात धरून रंगम्मा रडूंक लागली. 'तेन्ना जालें तें जालें. आ... आ... आतां म्हजेर रागार जावंनाका. म्हजी कांयच चूक ना. तेन्ना देवानूच तशें सांगिल्लें.' अशें तिणें घुस्मटत सांगलें.

'बरें, मंत्र्याक धाडून दियात. तुमी आतां वचात. वत वयर येवचे पयलीं उदक घालून सोंपयतां.' अशें म्हणत सत्या उठून उबें रावलें.

'आयजसावन तुवें काम करपाक जायना. राणयेभशेन रावपाक जाय.'

'बरें. तुमी वचात आतां.'

रंगम्मान परतो सत्याच्या कपलार कुकूम लायलो आनी सत्याच्या पोल्यावयल्यान हात ओडून, आठूय बोटां आपल्या कानसुलांचेर दवरून कटकटीत मोडलीं. 'काम करनाका बाय! तूं लक्ष्मी हे घरची' अशें म्हूण दोळे पुसून, तबकडी हातांत घेवन थंयच्यान गेली. धा पावलां मुखार वचून तिणें फाटल्यान वळून पळयलें तेन्ना सत्या कुंडात देवन दोनूय बुडकुल्यांनी उदक भरतालें.

6

इकरा वरांच्या सुमराक पयसुल्ल्यान मोटारीचो हॉर्न वाजयिल्ल्याचो आवाज आयकूंक आयलो. शेत कामाखातीर लागतात तितल्योच बैलगाडयो धांवपी ते कच्च्या रस्त्यावयल्यान मंत्र्याची मोटार येता हाची सत्याक जाणविकाय जाली. तितले म्हणसर तें न्हालें, रांदपाक दवरलें, कपडे उमळ्ळे आनी हवनाची तयारी केली. रान्नींतलो उजो सारको करून तें हवन करपाक बसलें. 'ओम् भूरग्नये प्राणाय स्वाहा! इदमग्नेये प्राणाय-इदम् न मम' हो मंत्र एका सुरांत म्हणत वाटयेतलें वितळिल्लें तूप अग्नीक अर्पण करतना मंत्री एकलोच दाराकडेन येवन उबो रावलो. सत्यान आपलें अग्नीवयलें लक्ष विचलित केलें ना आनी ताचेकडेन पळयलें लेगीत ना. कांय वेळ तो दारांत रावन मागीर भितर आयलो. पयसुल्ल्यानूच बागोवन नमस्कार करून वण्टीकडेन पातळायिल्ले शेंदरेचेर हात जोडून बसलो.

'ॐ आपो ज्योती रसोऽमृतम् ब्रह्म भूर्भुवः स्वरोम् स्वाहा' अशें म्हणत, पेटिल्ले अग्नी मुखार बसून उजव्या हातान समिधा अर्पण करीत सत्या बाशिल्लें. धवी चिटाची साडी आनी धव्या पोल्काचेर तीन पोडाचें जानवें दिश्टी पडटालें. माथ्यार न्हावन ओल्या लांब केसांत सकयल्या तोंकांक गांठ मारिल्ली आनी ते फाटीचेर सोडिल्ले. कपलाचेर कुकूम आनी कानांतल्या तांबड्या खड्यांचे वेडीशिवाय तिच्या काळ्या आंगाचेर एकूय दागिनो नाशिल्लो. हातांत दोन दोन सादीं कांकणां, इतलेंच.

'अग्ने नय सुपथाराये...' अशें म्हणत सत्या उठून उबें रावलें. प्रदक्षणा घालून अग्नीक नमस्कार केलो. मंत्र्यान लेगीत उठून प्रदक्षणा घालून अग्नीक साश्टांग नमस्कार घालो. सत्यान अग्निकुंडाचे धडेक बोट लावन बिबूत काडली आनी दोनूय भुंवयामदीं लायली. हवन सोपलें हें लक्षांत येतकूच मंत्र्यान सत्याक म्हणलें, 'म्हाकाय इल्लो प्रसाद दी बाय.'

'तुमीच घेयात.'

'आफुडल्यार जाता?'

'अग्नीक अस्पृश्यताय ना.'

ह्या वाक्यांत हे ब्राह्मणाचे चलयेन खंयचो खंयचो अर्थ लिपोवन दवरला म्हूण कोण जाणा अशें ताका दिसलें. पूण ताणें तें दाखोवन दिलें ना. तो हांसलो, 'हा हा हा, ह्ह ह्ह ह्ह ह्ह कितें उलयलें तूं! हें बरोवन दवरूंक जाय. देशांतल्या नेत्यांनी हें समजून घेवंक जाय.' अशें म्हणत ताणेंय उजव्या हातान हवनकुंडातली बिबूत काडून धवे तोपयेन अर्द धांपिल्ल्या कपलाचेर लायली. सत्या मागीर रांदचे कुडींत गेलें. दार उक्तें आशिल्ल्यान ते ल्हान कुडींत पेटिल्ली रांदन, ताका तेंकून आशिल्ली न्हाणी, वणटीकडेन आशिल्ली वांटपाची फातर मंत्र्यांक भायले कुडींतल्यानूच दिश्टी पडटाली. शिजिल्ली दाळ फरशेचेर दवरली आनी फरशेवयलें शीत जमनीर दवरलें. रांदनीचेर पिठाचें आयदन दवरून सत्यान मंत्र्यांक विचारलें, 'तुमी हांगा जेवतले?'

'घराकडेन वाट पळयतलीं. पूण सुनेचें हातचें जेवण जेवपाचें भाग्य आयजूच मेळटा जाल्यार कित्याक नाका म्हणूं? ह-ह-ह-ह ह्ह.'

सत्यान तीन गुळ्यांखातीर जाय तितलेंच उदक रांदनीचेर दवरून उजो मात्सो व्हडलो केलो. शिजयिल्ली दाळ आनी पणसाचे भाज्जेक घालपाखातीर विंगड आयदनांत भिजयिल्ले आमटाणेचो रोस काडपाक सुरवात केली. मंत्र्यान म्हणलें, 'चलयांक बरें रांदप करपाक येवंकूच जाय. वेळ आयल्यार अमकेंच काम जायना अशें जावपाक जायना. हाकाच स्वावलंबन म्हणटात. हाचीच

आयज देशाक खूब गरज आसा. पूण तुगेले बुदवंतकायेचें गिन्यान आनीक विशाल क्षेत्रांत वापरून ताचो लोकांक फायदो, मजत जावपाक जाय. सामकी गरज आसता तेन्नाच रांदपाचीं कामां करपाचीं. हेरशीं अशें रांदचे कुडींत अडकून रावप समा न्हय. कशें दिसता तुका?'

सत्या कांयच उलयलें ना. आमटाणेचो चोथो काडून चिंचेचो रोस रांदनीवयले दाळींत आनी पणसाचे भाज्जेच्या आयदनांत घालून भरसून तातूंत आच्यांवांतल्यान इल्लेंशें मीठ काडून घालें आनी रांदनीवयल्या आयदनांत नाचण्याचें पीठ घालें.

मंत्र्यान म्हणलें, 'त्या दिसा पंचायतीमुखार तुवें भाशण करून ब्राह्मण-शूद्र हो भेद सामको फट, जाका ब्राह्मण जावपाक जाय ताका ब्राह्मण करतलें अशें तुवें सांगिल्लें खंय. शंबर टक्के खरी गजाल ती. थंय मद्रासाक डी.एम्.के. वाडत आसा. राजाजी कितें सांगतात? आतां आर्य-द्रवीड असो भेद करपाक जायना. ब्राह्मण-शूद्र असो फरक तरी खंय आसा? अज्ञानाचो काळोख आतां फाटीं पडलो. आतां सगळ्यांक गिन्यान मेळोवपाक जाय. वेदाचें गिन्यान जावंक जाय. बायलेन जानवें घाल्लें पळोवन गांवांतले लोक हांसले खंय! हांव म्हणटां, कित्याक घालचें न्हय? पयर बेंगळूरांत महिला समाजाच्या उक्तावणावेळार हांवें हेंच सांगलें - बायलो जेमेरेन सुशिक्षित जायनात तेमेरेन देशांत सुदारणा जावंच्यो ना. तुवें दिसाळ्यांत वाचलें ना?'

सत्या कांयच उलयलें ना. 'कित्याक? हांगा दिसाळें येनातर?' मंत्र्यानूच विचारलें : 'आरे, वेंकटेशूच दिसाळ्याचो एजंट. तुका एक कॉपी धाडूंक जाता. म्हजो आनी वेंकटेशाचो एकमेकांचेर खूब विस्वास. पूण एके बाबतींत मात तागेलें म्हाका पटना. बायलांक कित्याक उच्च शिक्षण दिवंक जाय? असो ताचो वाद. देश फुडें सरपाक जाय अशें म्हणपी हें कशें मान्य करतले? तशें पळोवंक गेल्यार हो भेद आमच्या दोगांयच्या मोगाचे इश्टागती मदीं आयलो ना. आनी तसो येवचोय न्हय. म्हजे दृश्टीन वेंकटेश आनी आमगेलो श्रीनिवास सारकोच. वेंकटेशाक एक बस लायनीचो परवानो मेळचो अशी वेवस्था केल्या. चलोवंदी. आमगेलो चलो मुखार येवंदी.'

सत्या कांयच उलयनासतना रांदचे कुडींतलें काम करतालें. मंत्र्याक अस्वस्थ कशें दिसूंक लागलें. हय, ना, हं, अहं असल्यो कांयच प्रतिक्रिया दाखयनासतना ओग्गी रावपी चलयकडेन कशें उलोवपाचें, तागेल्या मनांतलो विचार कसो जाणून घेवपाचो? इतलें आसून लेगीत ते मुखार म्हणूंक लागले, 'तुका खबरूच आसा हांव आनी वेंकटरमणय्या केन्नाच एकमेकांकडेन

बहुवचनान उलयले नात. भुरगेपणांतले इश्ट. वेदविद्येंत तो बुदवंत आनी ताका गिन्यान खूब आशिल्लें. तो मेलो हें आयकून बरें दिसलें ना. चार शब्द शिकलो म्हूण मोहनदासान वेंकटरमण्णय्यांचो अपमान केलो. ताका ख्यास्त जावंक जाय आशिल्ली. गुन्यांव भोगसप हेंच व्हडपण म्हूण हांवें पुलीस इन्स्पेक्टराक फोन केलो. ताका ख्यास्त जावची न्हय अशें तुवें लेगीत बरोवन दिल्लें खंय. तांगेलें पाप-पुण्य तांचे तांकां.'

सत्यान उकडूंक दवरिल्लें, तातूंत लाकडाचो दवलो घुंवडायलो आनी सगळीं आयदनां एकठांय करून भायर गेलें आनी बालदेंतल्यान कुंडांतले उदक काडलें. मागीर एका माडापोंदा बसून आयदनां घासलीं. मागीर भितर येवन रांदचे कुडींत सान्न मारली. मुखार कितें उलोवचें कळनाशिल्ल्यान मंत्री ओग्गी बशिल्लो. नाचण्याचें पीठ उकडटकीच ताणें तो पिठाचो गुळो एका अल्युमिनियमाचे ताटलेंत घालो आनी हेर सगळे जिनस ताटांत वाडून सत्यान मंत्र्यामुखार ताट दवरलें.

'हांव एकलोच कसो जेवपाक बसूं?'

'तुमी जेवात. हांव मागीर जेवतां.' अशें सत्यान म्हणलें.

'हा हा हा एक आदर्श सुशिक्षित बायलमनशेक सोबसारकें उलयलें तू! आमगेल्या गांवातल्या चलयांक ही पद्धत खबर आसा. शारांतल्या चलयांक कशी खबर आसतली? म्हाका एक कुलेर दिल्यार पुरो.'

'कुलेरान नाचण्याचो मुद्दो कशे खातले?'

'अरे व्वा! नाचण्याची उकडी केल्या? म्हगेलें आवडटें जेवण. शारांतल्या लोकांनी असलीं खाणां खावपाचीं सोडून दिवन खूब वायट केलां.' अशें म्हूण भायर वचून ते हात धुवन आयले. रांदनीचेर खतखततालो नाचण्याचो मुद्दो मंत्री मुखार बसून पळयतात हे सत्याच्या लक्षांत आयिल्लें. ते चड जेवले ना. दोन ल्हान नाचण्याचे गुळे, रोस, आनी मागीर इल्लेशें शीत घेवन ताचेर इल्लेशें तूप, धंय घालून घेतलें आनी जेवले. तागेलें जेवपूच इतलें काय ही गांवठी रयतांची रांदपाची तरा ताका आवडली ना हें सत्याक कळ्ळें ना. मंत्री जेवन उठ्ठकूच तागेलें ताट धुवन घेवन येतना कितें तरी येवजून सत्यान म्हणलें, 'ड्रायव्हर भायर वाट पळयता दिसता. ताका आपयनासतना फकत तुमकांच वाडलें, मात्सो आपयात ताका. ताकाय वाडटां.'

'ओ, डोंट वरी. तो सरकाराकडल्यान डी.ए. घेता. ऑफकोर्स आमी ताका घरातलेंय जेवण दितात.'

'पूण ताका थंय उपाशीं दवरून हांव कशें जेवूं?'

'तशें जाल्यार ताका घराकडेन वचून जेव म्हूण सांगू?'

'धाडात. दारांत तो उपाशीं आसतना म्हाका जेवण वचचें ना.'

आतां ड्रायव्हर गाडी घेवन घराकडेन वंतलो. म्हाका व्हरपाखातीर परतो ताका ह्याच खडबडीत रस्त्यान येवचें पडटलें. टायराचे नदरेन योग्य जावचें ना. आनी तो जेवन येसर हांगा बसून हांव कितें करतलों? आपूण कितलोय उलयल्यार हें कांयच उलयना. कांयच उलयनासतना बसपाक ताका संकोच दिसूंक लागलो. तेखातीर आतां निरोप घेवन वचपाचें अशें थारावन ताणें म्हणलें, 'म्हाकाय अर्जंट काम आसा. मिनिस्ट्री मिटिंग. स्टेट अधिकाऱ्यांक ऑर्डर दिवंक जाय. हांव वतां. आतां तोंड उक्तें करून उलोवपाची गरजूच ना. आतां चैत्र सोंपत आयला. वैशाखांत एक बरो म्हूर्त आसा खंय. तूं फकत सून म्हूण येवन उपकरना. बेंगळूरांत करपासारकीं खूब कामां आसात. बायलांमदीं सुदारणा घडोवन हाडूंक जाय. मागीर सांगतां तुका ताचेविशीं. म्हाका एक सांग लग्न गांवात करपाचें काय बेंगळूरांत? आतांच सांग. गव्हर्नर सायबांक लग्नाचें आमंत्रण दिवंक जाय.'

सत्या रांदचे कुडीच्या दाराकडेन गेलें. थंय खुंटयाळाचेर हुमकाळायिल्लो पांच पोडी हार काडून मंत्र्यामुखार धरत सत्यान म्हणलें, 'सकाळीं तुमगेली घरकान्न हांगा आयिल्ली. ती हो हार हांगा विसरून गेली. तिका दियात हो.'

मंत्री मनांतल्या मनांत खजील जालो. कांय खीण कानाचे पडूडे गडप बशिल्लेवरी कांयच आयकूंक येना जालें. पूण दुसऱ्याच खिणांत ताणें आपल्याक सावरलो आनी म्हणलें, 'तिका समज ना. पयलींचे तेंपावयली ती! पूण ती मनान सामकी बरी. सुनेच्या गळ्यांत दागिनो घालतना तातूंत यजमानकेची चावी हुमकळावंक जाय हाचो तिका विसर पडलो दिसता. एकाद्रो लग्नाच्या दिसा तशी चावी आशिल्लो आनीक एक हार दिवपाचो तिगेलो विचार आसतलो. हा हा हा हा ह्ह ह्ह ह्ह...'

इतलो वेळ जें उलोवप जालें ताचो आपल्याकडेन कांयच संबंद नाशिल्लेवरी सत्या हार तसोच हातांत धरून म्हणूंक लागलें. 'नाका. हो तिका दियात.'

पूण मंत्री फाटीं सरलो आनी दाराभायर गेलो. 'हें पळय बाय, हांव मेकळ्या मनान सांगतां. तुका राग येवप योग्य. पूण तातूंत म्हजी कांयच चूक ना. एदोळ सांगलें ना तुका, म्हजी घरकान्न पयलींचे काळांतली, अंधश्रद्धेक पाळो दिवपी, त्यावेळार तिणें हट धरलो. तुकाय त्रास भोगचो पडलो. म्हाकाय खूब वायट दिसलें. श्रीनिवासाचें तर कांयच विचारनाका. सकाळीं तिवूय आयिल्ली आनी आतां हांवेंय खरें कितें जालें तें सांगलें. श्रीनिवासाक हांगा धाडटां. त्यावेळार

आवयक कित्याक सारकें समजावन सांगलें ना अशें म्हूण ताका खडसावन विचार. ताका बुद्द शिकय. दोगांय ल्हानपणासावन एकठांय वाडल्यांत. मुखार घोव-बायल ह्या नात्यान रावतलीं. तुजेबगर ताका कोण शाणपण शिकयतलो?' अशें उलयतां उलयतां ताणें पांयांत पंप-शू घाले आनी फाटल्यान वळून पळयनासतना मंत्री सडसडीत थंयच्यान गेलो. हार मात सत्याच्या हातांत तसोच उरलो. तो घेवन मंत्र्याच्या फाटल्यान धांवपाक ताका मुरवत कशी दिसली आनी तें भितरूच उबें रावलें.



# चौदा

## 1

सत्या बेंगळूर सोडून गांवांत रावंक लागलें ताचें श्रीनिवासाक व्हडलेंशें अजाप दिसलें ना. पूण तें गांवांत इतलेंच न्हय, भाटांत एकलेंच रावता, नोकरावरी कश्ट करता, तागेल्या बापायन अर्दो इस्टेटीचो वांटो आनी पंदरा हजार रुपया ताच्या नांवार दवरल्यात इतलें आसून लेगीत तें तोंड, आंग म्हेळें करून मातयेंत काम करता. हें कळटकूच श्रीनिवासाक असह्य जालें. जिवितांत निर्शेवणी आयिल्ल्यान तें तशें वागता. हाचेविशीं कळटकूच हांवेंय दुख्खी जावचें हो हेत मनांत बाळगून तें स्वताक ख्यास्त भोगयता, असो श्रीनिवासान मनांतल्या मनांत विचार केलो. बायल मरतकूच कितलेतरी फावटी सत्याक वचून मेळपाची इत्सा मनांत जाल्ली. तसो येत्न केल्यार लेगीत ताका ताचे म्हऱ्यांत वचपाची धिटाय येनाशिल्ली.

अशें कित्याक जाता, हाचो ताणें विचार केलो, तरी ताची ताका जाप मेळ्ळी ना. सिनेमा पळोवन ताचे फाटभुंयेंतल्यान ताका समजुपाचो येत्न करत रावलो. हांव ताचेर मोग करतां हें सत आसा. आतां बायल मरून हांव स्वतंत्र जालां हेंवूय तितलेंच सत. पूण ताका वचून मेळपाक मनांत धिटाय कशी येना? एकफावट गांवात दोन मैल मोटार चलोवन घेवन आयिल्लों. पूण परतो वळून तुमकूरांत गेल्लों. गांवात आपल्या घराकडेन वचून मात्सो वेळ पासार करपाक जातालो. पूण तशेंय केलें ना. एक दीस ताका प्रकर्शान जाणवलें - आपल्याक सत्याची भिरांत दिसपाक लागल्या. ह्या विचारान श्रीनिवासाक आपल्याचेरूच राग आयलो. सत्याची तिडक मारली. द्वेश उत्पन्न जालो. पूण ही तिडक आनी द्वेश रोखडोच विरगळून गेलो. एक ग्लास बियर पिवन जावचे पयलींच ताचेविशीं परतो पयलींभशेन मोग निर्माण जातालो.

एकफावट तुमकूरांत सत्या दुसरे चलयेवांगडा आपल्या ऑफिसामुखावयल्यान गेल्लें पळोवन श्रीनिवासाचें मन पुलकित जाल्लें. आनी सगळें आंग घामेवन गेल्लें. भंयलेगीत दिसपाक लागिल्लो. फाटल्यान वचून 'सत्या, राव' असो उलो मारचोसो विचार ताच्या मनांत आयिल्लो. पूण ताचे

फाटोफाट भंय दिसूंक लागलो. ताणें फाटल्यान वळून पळयलें ना जाल्यार, वा पळयल्यार लेगीत मखखपणान दोळे मोठ्ठे करून पळयल्यार. तेन्ना सत्या आपल्याक पळोवन लेगीत पळोंवक नाशिल्लेवरी करून थंयच्यान गेल्लें. त्याखातीर मनांत द्वेश आनी तिरस्कार दोनूय निर्माण जाले. त्या दिसा बियर पिवन लेगीत ती भावना कमी जाली ना.

फकत सत्याकडेन आपूण लग्न जावपाक तयार आसा अशें बापायक सांगलें ताच्या दुसऱ्याच दिसा श्रीनिवासाचो काका काळेगौडा गांवांतल्यान आयलो. ताका भुरगीं नाशिल्ल्यान श्रीनिवासाकूच तो आपलो चलो मानतालो आनी ताचेकडेन खूब आपुलकेन वागतालो. ताणें देवळालागसार गांवातल्या लोकांची सभा भरिल्ल्याची खबर सांगली. ते भरिल्ले सभेंत सत्यान येवन 'सगळे ब्राह्मण, कोणूच शूद्र नात.' बापायनूच आपल्याक ब्रह्मोपदेश करून जानवें घालां अशें म्हूण सगळ्याक जानवें दाखयलें म्हणपाची खबर काळेगौडान सांगली.

अप्पाक पिशें लागिल्ले तशेंच सत्याकूय पिशें लागलां अशें काळेगौडान सांगतकूच श्रीनिवासाचें मन उदास जालें. तकलेचेर परिणाम जावन मेल्ल्या बापायचे रावते खोंपीत म्हणल्यार भाटांत एकलें कित्याक रावता? मागीर पिशें लागचें नाजाल्यार कितें जातलें? गांवात कित्याक रावपाक जायना? पूण सत्यान पिशांचे अवस्थेंत आसतना सांगिल्ले गजालीक एक सुसंबद्धता आसा हाची जाणविकाय जाली. दोगांय वांगडा शिकतना तीं खूबफावटी जातींविशीं चर्चा करतालीं. जाती-पातीचो भेदभाव फट. सगळे लोक एक आनी समान आसात. श्रीनिवासान केन्नाच असो विचार केलो ना. जर सगळे एक जाल्यार तो एक धर्म वा आचार खंयचो? सत्यालेगीत हाचेर कांयच उलयलें ना. तसो प्रस्नूच उप्रासलो ना. आनी आतां सत्या 'सगळेच ब्राह्मण' अशें म्हणटा. हाका कितें म्हणपाचें? तागेलो विचार मुखार वचूंक शकलो ना. 'हांव स्वता जानवें घालता तुमकां. म्हाका तो अधिकार आसा' - अशें सत्यान म्हणलें खंय. म्हणल्यार तें स्वताक व्हडलो गुरू समजुपाक लागलां काय कितें? काका सांगतात तशें अप्पाचें भूत ताचे गोमटेर बसलां आसतलें? भूतां म्हणटात तीं खरीं? असल्या प्रस्नानीं तकली भरून आयली. तातुंतल्यान सुटका करून घेवपाखातीर श्रीनिवासान बियरीची बाटली भायर काडली.

'बाब, हें खंय शिकलो? वाट लावन घेवपाक स्वताची?' अशें काकान म्हणलें.

'बियर पिल्यार कांय जायना. जायजाल्यार तूं पिवन पळय.' पुतोणयान आग्रो केलो.

पितना कोडू आनी तीव्र वास जाणवलो तरी पोटांत वतकूच काकाकूय 'हें काय वायट प्रकरण न्हय.' अशें दिसलें.

सुमार वीस दीस हाचे वयल्यान गेले. एक दीस सकाळीं धा वरांचेर श्रीनिवासाचे आवय आनी बापूय तुमकूरांत आयले. बापायन म्हणलें, 'सत्या लग्नाक तयार आसा. तूं वच आनी मुखावयलीं उलोवणीं करून यो.' हाचेर श्रीनिवासाचो रोखडोच विस्वास बसलो ना. 'ताका पिशें तर लागलें ना न्हय? तागेल्या अप्पांक लागिल्लें तशें?'

'तुका कोणे सांगलें?' अप्पाजींन विचारलें.

'काळेगौडा काकान'

'ही गजाल खरी न्हय. हांव सत्याकडेन उलोवन, बरेभशेन जेवन आयलां.' अप्पाजी ताका मेळून सगळें थारावन आयल्यात जाल्यार आपणे कित्याक वचपाक जाय असो विचार करून श्रीनिवासान म्हणलें, 'म्हाका वचपाक नाका, तुमीच लग्नाची तारीख थारावन येयात.'

'तूं ताका मेळून आयलो ना जाल्यार लग्न थारावंक जावचें ना.'

'पूण तुमीच म्हणिल्लें न्हय तें लग्नाक तयार आसा म्हूण.'

'हें पळय, दुसरेकडेन लग्न करून, ती बायल मरतकूच परते विचारुंक गेल्यार सत्याकूय वायट दिसचें ना? तूं वच. तुका तापयतलेंशें दिसता. उलोवंदी ताका. तूं ताका फुसलाय, समजाय. हें तुमगेलें घोव-बायले मदलें मोगाचें झगडें.'

पूण लग्नापयलीं सत्याक मेळपाची धिटाय ताच्या मनांत येनाशिल्ली. ताका सत्या म्हऱ्यांत वचपाक भंय दिसतालो. तागेले आवय-बापूय बेंगळूरांत गेले. तीन दीस तो विचारांतूच तसोच घुटमळत आशिल्लो. सत्या लग्नाक तयार जालां हें बापायन सांगिल्ल्यान तोवूय एकेवटेन उमेदीत जाल्लो. शेवटाक ताका मेळून तागेलीं तापोवणी खावन येवप हेंच योग्य अशें ताणें थारायलें. चूक म्हजे कडल्यानूच जाल्या. देवामुखार मंगळारती चलतना जें मनाक दिसलें तेप्रमाण हांव वागलों. तातूंत म्हजें कितें चुकलें? मागीर आतां ताचेकडेन लग्न जावप तरी योग्य आसा व्हय? आतां ताच्या अंतरंगान हातूंत कांयच चूक नाशिल्ल्याचो निर्वाळो दिलो. बुद्द मात मदींच कसलो तरी प्रस्न उपस्थीत करताली. 'तेन्ना म्हाका अशें जालें. कित्याक जालें कळ्ळें ना. तुका हांवे फटयलें ना. आतां कितें करपाचें तूच सांग.' अशें सगळें ताचेरूच सोंपोवपाचें.

तें सांगता तशें चलपाक जाय. बुद्दीन, धिटायेन, हातांत घेतिल्लें काम पुराय करपाचें सामर्थ्य आनी साहस हातूंत तें म्हजे परस मुखार आसा. तेखातीर आतां सगळो भार ताचेरूच सोंपोवपाक जाय अशें श्रीनिवासान थारायलें. कसलोच विरोध करिनासतना तें सांगता तशें चलप अशा आत्मसमर्पीत भावनेंत तो आपल्याकूच विसरून गेलो.

2

श्रीनिवास गांवात आयलो. पूण आज्याक मेळनासतना मोटार नीट्ट ताणें भाटाकडेन वळयली. भाटाचे गेटीकडेन थांबयली. सकाळचीं साडेधा वरां जाल्लीं. ताका तो परिसर सामको नवो कसो दिसलो. खूब वर्सांपयलीं तो ह्या भाटांत आयिल्लो. आतां थंय दोन ल्हान घरां आशिल्लीं. तातुंतलें रावतात तें घर खंयचें तें वळखून तो त्या दारांत वचून उबो रावलो. तेन्ना थंयचो हवनांतलो अग्नी निकतोच शांत जातालो. एके शेंदरेचेर बसून वणटीक तेंकून एक चली धव्या कागदाचेर कितें तरी बरयतालें. फिकट हळडुव्या रंगाची साडी न्हेसून ताचेर त्याच रंगाचें पोल्क घाल्लें. दावेवाटेन मागो काडून केंस वेवस्थीत वळोवन, विणयेचेर मोगरेचो गजरो माळिल्लो. ताणें कपलार गुलाबी रंगाचो कुकूम आनी ताचे सकयल बिबुतीचें बोट लायिल्लें. हाका खंय तरी पळयिल्ल्याची याद करचे पयलींच तें ताका वळखून उठून उबें रावलें. ताणें विचारलें, 'सत्यभामा हांगाच रावतात?'

'अर्द वर जालें ती सामान हाडपाखातीर गांवांत गेल्या. धा-पंदरा मिणटांनीं येतली. तुमी बसात.'

भितर येवन तो शेंदरेचेर बसलो. तें चली मागीर रांदचे कुडींत गेलें आनी रांदनीचेर शिजता त्या आयदनावयलें धापणें काडून तें चाळ्ळें. मागीर मुरवतीन मीरान रांदचे कुडीचें दार आड केलें. हाका खंयतरी पळयलां अशें येवजीत ताणें भोंवतणीं एक नदर मारली. ल्हान रांदची कूड. मुखार एक कूड आशिल्ली. ताचे कुशीन जनावरांखातीर वा हेर शेतांत लागपी सामान दवरपाखातीर एक कूड. तितले म्हणसर ताका याद जाली. त्या दिसा हेच चलयेवांगडा सत्या वतालें. तुमकूरांतूच हांवें हाका पळयलां.

मीरा एक कळसुली घेवन ताचेमुखावयल्यान भायर गेलें. कुंडांतल्यान कळसुली भरून घेवन तें भितर आयलें तेन्ना श्रीनिवासान ताका विचारलें, 'तूं कोण? हांव तुका वळखलो ना.'

रांदचे कुडींत पावतकीच ताणें जाप दिली. 'हांव बेट्टय्याची चली.'

श्रीनिवासाक कळ्ळें. हें आतां बेंगळूरांतले कॉलेजींत शिकता खंय. तागेलें नांव मीरा. आनीक कितेंय ताका विचारचेंशें दिसलें ना. मीरा बरयतालें ते कागद शेंदरेचेरूच दवरून गेल्लें. सत्याचें हातबरप पळोवन तें आपलें वाटकुळ्या अक्षरांनीं परतें बरोवन काडटालें. ताणें ते पेपर काडून पळयले. एकशें सोळा असो पानाचो नंबर लेगीत बरयिल्लो. 'बळप्रयोग केलेबगर सकयल्या जातींतल्या लोकांक समानता मेळची ना. पूण बळप्रयोग म्हणल्यार गुंडगिरी न्हय. एकठांय येवन, संघटीत जावन काम करपाक जाय. आपलो हक्क मेळोवपाखातीर चळवळींत वांटो घेवंक जाय. असेंब्लींत, वेंचणुकेंत, वेपार-उद्देगांत, देवस्थान सारकेल्या धार्मिक संस्थांनी आपलें स्थान मेळोवपाखातीर आतऱ्या पयऱ्यान आंदोलन करपाक जाय. अशा वेळार हेर जातींतल्या लोकांनी गुंडगिरी केल्यार तांकां आडावपाखातीर गुंडगिरी करपाक जाय. शक्त, शक्तीसंचय आनी ताचो योग्य उपेग करपाची तांक हे गूण जर आमचेभितर आसात जाल्यार आमी आमचे पिळगेंत भोवमानान जगपाक शकतात.'

हें पुस्तक बरयता काय कितें? काय कोणाक भाशण बरोवन दिता? रोखडीच ताका मोहनदासाची याद आयली. तागेले विचार आनी तागेल्या उद्देगाची श्रीनिवासाक म्हायती आशिल्ली. मोहनदासाची आनी सत्याची वळख जाल्ल्यान मोहनदासाक हें बरोवन दिता हाचो ताका अदमास आयलो. इतल्यांत सत्या परतें आयलें. ताणें माथ्यार चुंबळ दवरून ताचेर अर्दें वजें दवरिल्लें. हातांत एक पोती आशिल्ली. चेहरो सामको घामान थपथपिल्लो. फाट घामान भिजून पोल्काचे हात लेगीत भिजिल्ले. तें एके रयताचे बायलेवरी दिसतालें, 'मीरा, हें सकयल देंवय गो' अशें म्हणटकूच तें रांदचे कुडींतल्यान धांवन आयलें आनी दोनूय हातांनीं तागेल्या माथ्यावयलें वजें सकयल देंवयलें. श्रीनिवासाक पळोवन विचलीत जाल्लें मन कांय खिणांत थाऱ्यार हाडून सत्यान विचारलें, 'गेटीकडेन मोटार दिसली. म्हाका दिसलें तुगेले अप्पाजी आयल्यात म्हूण. कितलो वेळ जालो तुका हांगा येवन?'

'हं' अशें श्रीनिवासान म्हणलें. आपणें असंबंदीत जाप दिली हें ताच्या लक्षांत आयलें ना. सत्यानूय परतो तोच प्रस्न विचारलो ना.

मीरा भितर गेलें. एका मिनटान ताणें सत्याक भितर आपयलें आनी म्हणलें, 'म्हाका वेळ जाता हांव घराकडेन वतां.'

'हांगाच जेवन वतां म्हूण सांगिल्लें. आनी आतां तशेंच वता?'

'ना, घराकडेन मात्शें काम आसा.'

'तो आयला म्हूण तुका मुरवत दिसता? चल. भायर येवन बस.'

मीरा भायर आयलें ना. ल्हव आवाजानूच घरा वचपाचोच हट धरून बसलें. ताका सत्या आनी श्रीनिवासाविशीं सगळें खबर आशिल्लें. दोगांयचें लग्न करपाखातीर मंत्री आनी व्हडल्या गौडान येत्न केल्यात, आनी तांचेखातीरूच अम्माचो उत्सव केल्लो हेंवूय ताका खबर आशिल्लें. सत्यान खूब आग्रो केलो, पूण तें रावलें ना. त्या दिसा बरोवपाखातीर कागद एके पोतयेंत घालून, श्रीनिवासाक नमस्कार करून तें थंयच्यान गेलें.

श्रीनिवास भ्रमिश्टाभशेन मुखावयले वणटीक पळयत बशिल्लो. चेहरो आनी हात पदरान पुसत सत्यान विचारलें, 'खूब सिनेमा पळयता आनी बियर पिता खंय! इतले सकयले पातळेचेर पावलो तूं?'

तो कांय उलयलो ना. फकत 'हं' इतलेंच म्हणलें.

'हांवें देवदास सिनेमा पळयलो ना. तुका खबरूच आसा म्हाका सिनेमाची आवड ना ती. ती कादंबरी वाचल्या. गिरेस्ताचो चलो! पिवन मस्तीपणा केलीं. कश्ट करून पोट भरपाची परिस्थिती आशिल्ली जाल्यार हमाली करतलो आशिल्लो नाजाल्यार ऑफिसांत वतलो आशिल्लो. अशें केल्यार स म्हयन्यांनी मन आपसूकच थाऱ्यार येता आशिल्लें.'

आतांय तो कांयच उलयलो ना. सत्यानूच मुखार म्हणलें, 'ह्या वयांत तुवें असो दिसपाक जायना. चेहऱ्याचेर दुर्येतपणाचीं लक्षणां दिसून येतात. म्हाका पळय, झाडांक उदक घालतां, तळ्यांतल्यान उदक भरून घेवन येतां, वतांत भोंवता. रंग पयलींपरस काळो जाला. पूण भलायकी सामकी बरी आसा. तूं असो कित्याक जावंक शकना?' तो तसोच ओग्गी बसून आशिल्लो.

'कित्याक मौनव्रत घेवन बसला? उलय. कोणेंच केलें ना असलें काय व्हडलें पातक केलें ना तुवें.'

निमणें वाक्य आयकून श्रीनिवासाच्या मनांत मात्शी धिटाय आयली. कितें उलोवचें तें कळ्ळें ना पूण कितें तरी उलोवपाकूच जाय अशें ताका दिसपाक लागलें. 'सत्या, तूं जाय तितलें तापय. तापोवपाचो अधिकार तुका आसा. हांव पातकी, अपराधी, दोशी.' अशें म्हूण तो सत्याचो हात घट्ट धरून बसलो. सत्यान आपलो हात सोडोवन घेतलो ना. फाटींलेगीत सरलें ना. ताणें एक फावट तागेलो हात दामलो. सत्यान अभय दिवन आपलो स्विकार केलो अशें श्रीनिवासाक दिसलें.

सत्यान म्हणलें, 'तुगेलो हात पळय कितलो मोव आसा!'

'म्हजें काळीजूय तितलेंच मोव आसा हें तुका खबर ना? म्हज्या काळजान कितलें दुख्ख अणभवलां हाचें वर्णन करप खंयचेय कवीक...' तागेलें उलोवणें मर्दीच थांबोवन सत्यान म्हणलें, 'हांव ताचेविशीं सांगिनाशिल्लें. फकत मोटारीचें चक्र घुंवडायता म्हूण तुगेले हात इतले मोव.म्हूण सांगूंक सोदतालें. खोरें, कुदळ, नांगर धरल्यार हात इतले मोव आसचे नाशिल्ले. खूब सिनेमा पळयता दिसता. म्हूण काळीज, कठीण, कवी हाचेर उलयता. म्हाका ह्यो गजाली समजनात आनी हांव तसो विचार लेगीत करना.'

श्रीनिवासाक कितें उलोवचें तें येवजलें ना. तागेले दोनूय हात धरून सत्याकडेन पळयत श्रीनिवासान म्हणलें, 'कित्याक मनाक लागसारकें उलयता तूं?' अशें म्हणटना श्रीनिवासाचे दोळे दुकांनी भरिल्ले. कांय वेळान तो बायलां भशेन व्हडान रडूंक लागलो.

सत्याच्या दोळ्यांतूय दुकां आयलीं. तागेलो हात धरून सत्यान म्हणलें, 'उठ, सारको बस पळोवया! तुका मनाक लागपाखातीर हांव तशें उलयलें ना.' अशें म्हूण ताका उठोवन वण्टीकडेन बसोवन रांदचेकुडींत गेलें. चुलीर दवरिल्लें आयदनाचें धापणें काडून पळयलें. शीत जाल्लें. सार सामको खतखतालो. सत्यान भितरल्यानूच म्हणलें. 'कुंडाकडेन बालदी दवरल्या तातूंत उदक घे आनी माडापोंदा दवरिल्ल्या फातराकडेन हात-पांय धुवन यो. जेवपाक वाडटां.'

श्रीनिवास वचून हात-पांय धुवन आयलो. सत्यान ताका पान वाडलें. 'आनी तूं?' ताणें विचारलें.

'तुगेलें पयलीं जावंदी. मागीर हांव जेवतां.'

'दोगांय वांगडाच जेवया.'

रांदचे कुडीचे भायल्यावाटेन, मदले कुडींत शीत, सार, धंयाचें आयदन, तूप आनी उदकाचो तांबयो घेवन दोगांय बसलीं. सत्यान ताका वाडलें. एक उंडी तोंडात घालून श्रीनिवासान विचारलें 'सदांच होम करता?'

'पयलीं करनाशिल्लें. वीस दीस जाले सदांच करतां.'

'जानवें घालां खंय!'

'म्हजी चवकशी कोणाकडेन करतालो?'

'पयलीं तू हाचेर विस्वास ना अशें म्हणटालें.'

'तशें केन्ना म्हणलां हांवें? जाती-पातींचेर विस्वास ना अशें म्हणटालें. तसो आतांलेगीत विस्वास ना. म्हाका सांग, रांदप रुच्चीक जालां काय ना तें?'

'इतलो रुच्चीक सार हांवें केन्नाच खावं नाशिल्लो.'

'कुमुदिनीचें रांदप इतलें रुच्चीक जायनाशिल्लें?'

ह्या प्रस्नान तागेलो चेहरो बावलो. 'सत्या, म्हाका इतल्यो गाळी मारून तुजें समाधान जालें ना?' अशें म्हणटना ताका खियणी आयली. आनी तोंडातली उंडी भायर पडली. खांकून खांकून तागेलो ताळो भगभगूंक लागलो. चेहरो तांबडो जालो आनी दोळ्यांतल्यान दुकां येवंक लागलीं.

'मान वयर कर, खियणी थांबतली.'

तो दोन मिणटां तोंड वयर करून पांख्याक पळयत रावलो. कांय वेळान खियणी थांबली.

सत्यान म्हणलें, 'हांवें सहज विचारलें जाल्यार ताचो अर्थ असो कित्याक लावन घेतलो? जें जावपाचें तें जावन गेलें. लग्न जालें. सगळें वेवस्थीत जातलें आशिल्लें आनी तूं एका गुटगुटीत भुरग्याचो बापूय जातलो आशिल्लो. तिवूय सामकी बऱ्या सभावाची चली आशिल्ली खंय. विणा वाजयताली खंय. तिगेलें उलोवप लेगीत म्होंवाळ आशिल्लें खंय. केन्नाच म्हेळे कपडे आनी केंस विस्कटावन भोंवनाशिल्लें. त्यो गजाली आतां नाकात. रांदप कशे जालां?'

'एदोळ हांवें सांगलें ना तुका!'

'म्हणल्यार तूं मीराची तोखणाय करता कशी जाली!'

तागेलो चेरो तांबडो जालो. ताका तिडक मारली. श्रीनिवासान म्हणलें, 'दुसरे चलयेचे संदर्भात अशें कित्याक उलयता?'

'अशें कितें म्हणलें हांवें? ह्या सारांत अशें कितें विशेश आसा? हें सामकें सादें सोप्पें रांदप. आनी तुका तें आवडलें. रांदप मीरानूच केलां हें तुवें स्वता दोळ्यांनी पळयलां. हाचो अर्थ तुका तें आवडलें असोच जालो ना?' अशें म्हूण सत्या व्हडान हांसलें.

'एक फावट दुसरे चलयेकडेन लग्न जालों म्हूण तुका कितें दिसता हांव जे चलयेक पळयतलों ते चलयेफाटल्यान लागतलों? अशें दिसता तुका? हांव म्हजें काळीज तुका कशें उक्तें करून दाखोवं?'

सत्या कांयच उलयलें ना. तें गंभीर जालें. कांय वेळान सत्यानूच म्हणलें, 'आतां तीं उलोवणीं नाकात. तूं मोन्यांनी जेव पळोवया! आनीक शीत जाय जाल्यार घे.' अशें म्हणत सत्यान आनीक शीत वाडलें. वयर तूप ओतलें आनी ताचेर सार रकयलो. मागीर ताणें म्हणलें, 'खरें म्हणल्यार मीरा हांगाच जेवन वचपाचें आशिल्लें आनी तेखातीर ताणें दोगाजाणांचें रांदप केल्लें. मुरवतीक लागून तें हांगा रावलें ना. ताच्या वाट्याचें जेवण तूं जेवता.' परतें तागेल्या चेहऱ्याकडेन पळोवन सत्यान म्हणलें, 'रागार जावंनाका. खरें तेंच हांवें

सांगलां. तागेल्या तोंडांतलो घास काडून घेतिल्लें पातक तुज्या माथ्यार थापचें ना. जेविल्ल्याचें सार्थक मात जातलें.'

'जेविल्ल्याचें आनी कसलें सार्थक?'

'तुका कळ्ळें ना. मागीर सांगतां. आनी इल्लेशें तूप वाडूं? तूप बरें घमघमीत आसा न्हय?'

'हय.'

सत्यान दोन कुलेरां तूप वाडलें. आनी मागीर ताणें म्हणलें. 'बेट्टटय्यागेर खूब गोरवां आसात. मीरानूच घराकडल्यान घरावें तूप हाडून दिलां.'

श्रीनिवासाक सत्याच्या ह्या उलोवण्याचें अजाप दिसलें. एकाद्रें आपलो राग कमी जायसर हें अशेंच आपलीं फकाणां करतलें असो विचार करून तो ओग्गी रावलो. मुखार उबें रावन ताणें 'चांडाळ, घातकी, पापी' अशो गाळी मारून चंडीचो अवतार घेवन कितेंय उलयल्यार ताच्यान तें सहन करपाक जातालें. कित्याक म्हणल्यार तो माफी मागपाखातीर आयिल्लो. पूण अशें हांसत हांसत तोंपून उलोवप म्हणल्यार तागेल्या सभावाकडेन मेळ बसनाशिल्लें निश्टूरपण.

जेवण जातकूच सत्यान ताटां धुलीं, जमीन धुवन पुसली. श्रीनिवास वण्टीक तेंकून शेंदरेचेर बसलो. सत्या ताच्या म्हऱ्यांत आयलें आनी तागेलो उजवो हात हातांत घेवन म्हणलें, 'हाचेफुडें बियर पिवचों ना, सिगार ओडचों ना अशें वचन दी.'

श्रीनिवासाक उमेद जाली. सत्याचो हात घट धरून ताणें म्हणलें, 'तुका वचन मागपाची गरजूच ना. खंयच्च्याय एका कारणाक लागून अशी वायट संवय लागली. जेन्ना तें कारण ना जाता तेन्ना ही वायट संवय तरी कित्याक उरतली?'

'तूं खूब बुदवंतकायेचीं उलोवणीं करता. तें आसूं, म्हाका वचन दी.'

'तुगेलो सोपूत घेवन सांगता, हांव दोनूय वस्तूंक हात लावचो ना.'

'म्हजो सोपूत घेवन उपकरना.'

'तुजेपरस मोगाचो असो कोण आसा म्हाका. म्हजें काळीज पिंजून दाखोवं...'

'काळीज, आनी तेंवूय पणस पिंजिल्लेवरी दाखोवप असल्यो रुपकात्मक गजाली नाकात. तुगेली संकल्प-शक्त म्हणल्यार इत्सा शक्तीचो सोपूत घेवन सांग. खंयचेय परिस्थितींत हाका आफुडचो ना. हें थारावपाची इत्सा शक्त तुजेकडेन आसा?'

'हाचेमुखार ताची गरजूच लागची ना.'

‘हाची गरज केन्नाच नाशिल्ली आनी कोणाकूच ताची गरज ना. तूं तुगेल्या वील्-पावराविशीं सांग. विचार करून हय काय ना अशी जाप दी.’

सत्याचो उजवो तळहात हातांत घेवन तसोच बसून रावलो. तागेल्या हाताचेर ल्हान ल्हान वळ आयिल्ले. तें तागेल्या चेहऱ्याकडेन पळयत बशिल्लें. पांच मिणटां दोगांय मौन रावलीं. दोगांय कांयच उलयलीं नात. मागीर सत्यानूच म्हणलें. ‘हांव एका विंगड विशयाचेर उलयतां अशें तूं समजूं नाका. गौतम बुद्धाची शक्त ती कितली! राज्याचो त्याग करप आनी तरणाटेपणांतूच घरकान्नीक सोडून वचप हातूंत कांयच विशेश ना. पूण इत्सा शक्त जाय. म्हजो हो हात तुवें पयलींसावन कितलेतरी फावटी पळयला आसतलो. कितलो मोव आशिल्लो तो! आनी आतां पळय हांवें कसो करून दवरला तो!’

श्रीनिवासान परतून एक फावट तागेल्या तळटावयले फोड सांसपून पळयले आनी म्हणलें, ‘तुजेकडेन इत्सा शक्त पयलींसावनच आसा!’

‘तुजेभितर कित्याक आसची न्हय? हाचेमुखार तरी इत्सा शक्त प्रबळ करपाखातीर कित्याक तुवें येत्न करचो न्हय? खंयच्च्याय विशयाचें एकचित्तान ध्यान केल्यार, खंयच्च्याय विस्वासांत मग्न जावन रावलो जाल्यार ताचे साधनेन संकल्पशक्त आपसूकच वाडटा. अशी संकल्पशक्त जाच्यांत नासत जाल्यार तें व्यक्तिमत्व तरी कसलें?’

‘म्हाका तुगेल्या उलोवपांतलो अर्थ समजलों’ कांय खिणांनी ताणें दृढतायेन म्हणलें. ‘हांव हाचेमुखार केन्नाच पिवचों ना, सिगार ओडचों ना, तुजो सोपूत घेवन न्हय, म्हजे संकल्पशक्तीचो सोपूत अशें म्हण.’

‘म्हाका खूब खोस जाली. पूण तुगेली संकल्पशक्त फकत बियर सोडपाखातीरुच सोंपून वतली काय कितें? हाका ‘निगेटिव्ह व्हर्च्यू’ म्हणटात. स्वताच कितेंय करून दाखोवंक जाय. खंयचेंय ठोस कार्य करून दाखय.’

‘सत्या, तूं अशें कुवाडें घाल्लेवरी उलयता कित्याक? जें सांगपाचें आसा तें स्पश्ट सांग.’

‘सांगतां. तुवें तुगेल्या विल पॉवराचो सोपूत घेतला न्हय?’

‘हं.’

‘तुगेलो जाती वेवस्थेचेर विस्वास ना न्हय?’

‘सामकें स्पश्ट सांगतां तुका. त्या दिसा देवामुखार उबो राविल्लेकडेन तशें दिसलें. तें बरोबर आसतलें वा चुकीचें आसतलें. देवामुखार जें मनांत येता तें खरेंच आसतलें अशें काय ना. कारण आपल्या मनांत जें आसता तेंच देवामुखार उबे राविल्लेकडेन आपल्याक व्हडान आयकूंक येता. त्यावेळार म्हाका जें दिसलें

तें चुकीचें हें म्हाका आतां लक्षांत येता. हांव खऱ्यांनीच जातपात मानिना. आतां तुगेलो ह्या हवनाचेर आनी जानव्याचेर विस्वास बसला. हें अशें कशें घडलें म्हूण कोण जाणा. तुका जाय जाल्यार तूं जानवें घाल. पूण हांव केन्नाच जातिभेद मानचो ना. हांव स्वताक उणाक लेखचों ना.'

'ब्राह्मण जावपाक तितलें पुरो. पूण हेरांकूय उणाक लेखचें न्हय.'

'हांवें केन्ना तुका उणाक लेखलां?'

'म्हाका न्हय -'

'मागीर? कितें म्हणपाचें आसा तुका?'

'तुगेलो जाती वेवस्थेचेर विस्वास आसा काय ना?'

'कितले फावटी विचारतलें?'

'तुगेल्या संकल्पशक्तीचें स्मरण करून सांग.'

'विस्वास ना.'

'तशें जाल्यार मीराकडेन लग्न कर.'

तागेली तकली गरगरपाक लागली. कानसुलां गरम जालीं. आनी कानांतल्यान साँय-साँय आवाज आयकुपाक येवंक लागलो. कितें हें सत्याचें उलोवप? जेवपाक बसतसावन तें कितें उलयतालें ताचे फाटल्यान ह्योच उद्देश आशिल्लो काय कितें? तेन्ना सत्यान मुखार म्हणलें, 'तूं म्हजो विशय मनांतल्यान काडून उडय. हांव एकाद्रें लग्नूच जावचें ना. आनी लग्न जालेंच जाल्यार तुजेकडेन जावपाचो वेळ आतां फाटीं पडलो. हाचो अर्थ तुजेकडेन म्हजी इश्टागत ना असो न्हय. लग्नाचो विचार मनांत येवचे आदीं आमगेली इश्टागत नाशिल्ली? मदींच एक दोन दीस भेट जाली ना जाल्यार हॉस्टेलांत एकमेकांक सोदूंक वचनाशिल्लीं? तो मोग कसो वतलो? कित्याक वचपाक जाय? कुमुदिनी जिवी आसतना जर तूं मेळपाक आयिल्लो जाल्यारूय हांव तुजेकडेन उलयतलें आशिल्लें. तिका हांगा घेवन येवपाक जाय आशिल्लें. तें आसूं. आतां कसोय हांवें तुगेलो हात हातांत घेतला. म्हूण हांव तुका वचन दितां, हांव तुगेली इश्टागत केन्नाच तोडचें ना. तुगेल्या सूख-दुख्खांत, हांव सदांच वांटेकार जातलें. पूण तुगेल्या आनी म्हगेल्या लग्नाचो विचार करप आतां शक्य ना.'

'सत्या, तूं आतां रागाभरशीं उलयता.' - श्रीनिवासान म्हणलें.

'रागार जावप ना. हांवेंच तुका कितलेतरी फावटी रागाचेर आवर घालूंक सांगिल्लें. हांव निखालस तुचेर रागार ना.' अशें सत्यान म्हणलें.

'तशें जाल्यार त्यावेळार आशिल्ली लग्नाची भावना आतां कित्याक ना?'

'रागान ते भावनेचो नाश जाला, अशें तूं एकाद्रो म्हणशीत. पूण म्हज्या मनांत कितें चल्लां हाची तुका पुराय कल्पना ना. घडिल्ली घडणूक कथा सांगिल्लेवरी सांगूक जाता. पूण म्हज्या मनांत, बुद्दींत आनी भावनेंत कसलो इतिहास घडून गेला हें सारकें सांगूक म्हाका जमचें ना. आनी आतां हांवें सांगलें जाल्यार तुका पुराय गजाल समजुची ना. आमी लग्न जावचें न्हय अशें तुवें पत्र बरयिल्लें ही तातुंतली पयली घडणूक. ती खूब धक्को दिवपी घडणूक आशिल्ली हें खरें. पूण ताचे उपरांत ताचेय परस चड धक्को दिवपी घडणुको एका फाटोफाट एक घडत गेल्यो.'

'नोकरी वतकूच तुवें कपड्याच्या दुकानांत काम केलें. तेन्ना तुका मजत करपाखातीर म्हजेंय मन तळमळटालें. पूण तुका मेळपाची धिटाय म्हज्या मनांत नाशिल्ली.'

'तूं मेळपाक आयिल्लो जाल्यार लेगीत हांव तुजेकडेन मजत मागचें नाशिल्लें. तिवूय एक मुखेल घडणूक आसली तरी म्हजे दोळे उक्ते करपी आनीकूय एक घडणूक घडली. म्हज्या अप्पांच्या जिवितान म्हाका एक नवो संवसार दाखयलो. आतां शूद्र बायलांवरी हांव शेतांत काम करपाक लागलें. ताचो जेन्ना पयलो अणभव घेतलो तेन्ना एक नवेंच सत म्हाका होलमलें. हांवें अर्थ लावन घेतलो. तेप्रमाण आतां म्हाका मोग, लग्न, भुरगीं हांचें व्हडलेंशें म्हत्वूच ना. तेखातीर आतां हांवें तुजेकडेन लग्न केलें जाल्यार तूं सुखी जावंक शकचो ना.'

श्रीनिवासाक कांयच येवजलें ना आनी तो सत्यालो चेहरो पळयत रावलो. सत्यानूच मुखार म्हणलें, 'पूण तुगेलो सभाव म्हाका खबर आसा. तुका घर-दार जाय, बायल-भुरगीं जाय. हे सगळें चुकीचें अशें हांव म्हणना. ताचेबगर जग कशें चलतलें? देखून तुवें लग्न जावंक जाय. मीराक तशें तुवें पळयलां. तागेलें मुखामळ आनी आंगलोट पळयल्यार हांव ताचेमुखार कोणूच न्हय. म्हजे इतलें काळें ना. नटपाची-मिरोवपाची आवड आसा. सभ्यताय, नमळायेन वागप, बारीकसाण सगळे गूण आसात. तागेलीं कन्नड आनी इंग्लीश अक्षरां सामकीं वाटकुळींच मोतयांवरी आसात. तें चतूर आनी हुशार आसा. वाचनाची खूब आवड आसा. एके नदरेन पळोवंक गेल्यार तें म्हजें विद्यार्थी. मुखार शिकयलें जाल्यार एम्.ए. वर्गांत लेगीत पयले श्रेणींत पास जातलें. इतलेंच न्हय तागेलो स्वभाव लेगीत मोवाळ. घोव जावं नाजाल्यार आनीक कोणूय जावं कोणेय कितेंय म्हणलें जाल्यार परत्यापरतीं उतरां दिवन झगडीं करपाचो सभाव न्हय. तुका योग्य अशी बायल जातली. हांव हें फकाणांनी उलयना.'

तो ओग्गी बशिल्लो. सत्याचो हात आजूनमेरेन श्रीनिवासाच्या हातांतूच आशिल्लो. 'केन्नासावन बडबडत आसां. तोंड सुकलें. उदक पिवन येतां. मात्सो हात सोड.' अशें म्हूण ताच्या हातांतल्यान हात काडून घेवन, रांदचेकुडींत वचून तांबयाचेर धांपिल्लो पेलो घेवन तातूंत उदक घालून ताका विचारलें. 'तुका जाय?' ताणें नाका म्हूण मान हालयली. मागीर सत्यान तो पुराय पेलो पिवन, तो धुवन परतो तांबयाचेर धांपून भायर आयलें. आनी ताच्या मुखावेले वणटीकडेन ल्हान शेंदरी घालून बसलें. श्रीनिवासान एक दीर्घ स्वास सोडलो. सत्यान सांगलें, 'तुगेले अप्पा हांगा आयिल्ले तेन्ना तांणी सांगिल्लें, तांगेलो लेगीत जाती-भेदाचेर विश्वास ना म्हूण. देखून ह्या लग्नाक ते मान्यताय दितले. कित्याक दिवचे नात? बेट्टय्या काय कमी नात. एम.एल.ए. जाल्यात. स्वताची जमीन आसा. तागेल्या चल्याचो धंदो बरो चलता. तांणी न्हयकार दिल्यार लेगीत तुजेकडेन वील पावर आसा जाल्यार तूं तिचेकडेन लग्न कर. सुदारणा केन्नाच म्हालगड्यांकडल्यान आपसूकच जायनात. तरणाट्यांकडल्यान कितेंय तरी घडोवन हाडप शक्य आसा. तशेंच स्वतंत्रपणान प्रेमविवाह थारोवपाची पद्धत चालीक लागसर हें जाती-पातींचें प्रस्थ नानपयत जावचें ना.'

इतलें सांगून सत्या ओग्गी बसलें. श्रीनिवास भायल्या दाराकडेन पळयतालो. श्रीनिवासान रोखडीच जाप दिवची अशी सत्याची निखालस अपेक्षा नाशिल्ली. धा मिणटानीं 'कॉफी करतां' अशें सांगून सत्या रांदचेकुडींत गेलें. दोन पेले कॉफी करून हाडली. तातुंतलो एक पेलो ताचेमुखार दवरून दुसरो आपल्याक घेवन तें परतें येवन शेंदरेचेर बसलें. कॉफी पिवन जातकूच श्रीनिवास 'हांव वतां' अशें म्हूण उठलो.

'ताकतीक कित्याक करता? मात्शा वेळान वच.' अशें सत्यान म्हणलें. 'ना, आतांच वतां.' अशें म्हूण तो उठून उबो रावलो. ताका पावोवपाखातीर तेंय भायर आयलें. इतल्यांत कसलीतरी याद जावन, 'एक मिनीट राव.' अशें म्हूण तें भितर आयलें. कुडींत वचून रंगम्मान घाल्लो हार आपल्या उजव्या हातांत घेवन येवन ताचेमुखार धरलो आनी म्हणलें, 'हो घे. तुगेली आवय हांगा विसरून गेल्ली.'

'हांगा कशी विसरली?' श्रीनिवासान विचारलें.

'घे. बोल्सांत दवर. मागीर सांगतां.' अशें म्हूण श्रीनिवासाच्या हातांत हार दवरून ताणें म्हणलें, 'तुगेले आवयन, सून म्हूण तो म्हज्या गळ्यांत घालो. तुका सांगलां तें तिका सांगिल्लें जाल्यार तिका कळचें नाशिल्लें. तिका परतो

दिवपाक गेल्लें, जाल्यार तिणें आयकून घेतलें ना. आतां तूंच तो मीराच्या गळ्यांत घाल.'

'आपल्या मनांतलेंच उलयता तूं.'

'हें पळय -' सत्या अंतर्मुख जावन गंभीरतायेन म्हणपाक लागलें, 'मोग-आवड ह्यो भावना हेरांच्या सुचोवणेप्रमाण जल्माक येवंक शकनात. हांव सांगतां म्हूण तुगेलो मीराचेर मोग जडचो ना हें म्हाका खबर आसा. पूण आमगेल्या देशांत मोग करून लग्न जावपाक संद पयलीं खंय मेळटा? मोगान लग्न जावपाची पद्धत वाडली जाल्यार जाती नश्ट जातल्यो. हुंडो वा हेर सुविधा वतल्यो म्हूण लोक हाका भियेतात. नाय जाल्यार तूं दुसऱ्यान थारायिल्ल्या लग्नाकूच तयार जातलो. मीराकडेन लग्न जा. तुका तें योग्य चली अशें हांव मनाथावन सांगतां. मागीर तुजी इत्सा.'

वंयेच्या गेटीकडेन वतांत उबी आशिल्ले मोटारीच्या दाराचें हँडल खूब तापिल्लें. दार उक्तें करून स्टिअरिंगाकडेन बसत श्रीनिवासान विचारलें, 'सत्या, तुगेल्या लग्नाविशींच्या विचारांत केन्नाच बदल जावचो ना?'

'सगळें एदोळ सांगलें न्हय तुका. पूण एका गजालीचेर तूं विस्वास दवर. म्हाका तुजेविशीं खूब आपलेपण दिसता. म्हाका सामकें तोडून उडोवं नाका. आतऱ्या-पयऱ्यान हांगा यो. तुका कसलीय आडखळ आयली जाल्यार लेगीत हांव मनाथावन मदत करतलें मोगान करतलें.' तागेलो उजवो हात घट्ट धरून सत्यान सांगलें. श्रीनिवास तागेल्या चेहऱ्याक पळयत आशिल्लो. तेन्ना ताणें सत्याचे दोळे ओले जावंक लागिल्ले पळयले. तशे ताचेय दोळे ओले जाले. ताणें 'हांव वतां' अशें सांगून मोटार स्टार्ट केली.

रस्त्यावयल्यान मोटार फाटीं-फुडें करीत पुराय वळयसर सत्या ताका पळयतालें. मोटारीन वेग घेतकीच सत्यान हात उखलून ताका निरोप दिलो.

3

श्रीनिवास गांवांत गेलोच ना. बसस्टँडाकडेन येवन थंयच्यान हमरस्त्यावयल्यान ताणें मोटार तुमकूरचे दिकेन सोडली. तागेली तकली सुन्न जाल्ली. मन सामकें निर्शेल्लें. रुमांत वचून तो दार धांपून न्हिदलो. अप्पाजीन सांगतकूच मनांत तयार जाल्ल्या भाव-भावनांची सत्यान वाट लायली. कसलें हें तागेलें निश्टूरपण! ताणें उजवेवटेन कूस परतिली तेन्ना उजव्या बोल्सांतलो हार ताचे मांडयेक तोंपतालो. ताणें तो हार काडून ताचेर एक नदर भोंवडायली.

हो हार ताणें न्हयकारलो! विषण्णतेन हांसून ताणें खाटीपोंदा आशिल्ल्या ट्रंकाचें कुलप काडून तातूंत तो हार दवरून परतें कुलप लायलें.

ते रातीं तो जेवलो ना. खूब वेळ ताका न्हिदूच लागली ना. निर्शेवणी - तनमनाक व्यापून उडोवपी व्हडली निर्शेवणी. सगळेंच अर्थ नाशिल्लें दिसतालें. ताणें उठून लायट पेटयली. बियरिची बाटली आनी ग्लास घेवन खाटीचेर बसलो. ग्लासांत बियर घाली आनी एक घोंट घेतनाच सत्यान सांगिल्ले संकल्पशक्ती विशींच्या उतरांची याद जाली. आतां आपूण पिवचो ना, सिगार ओडचोना अशें वचन दिल्ल्याचीय याद जाली. ताका हांवें वचन दिलां काय ताणें म्हजेकडेन घेतलां? दोगांनूय एकमेकांचो हात हातांत घेतिल्लो. त्यावेळार तें उलयलें आनी हांवेंय तें मान्य केलें. हांवें कित्याक मान्य केलें? तें म्हजी बायल जातली म्हूण. आतां ती बायल ना म्हूण हांव पिता न्हय? तें तयार जाल्लें जाल्यार म्हाका बियरीची गरजूच पडची नाशिल्ली? आता ताणें न्हयकार दिला. मागीर म्हजेकडल्यान वचन घेवपाचो ताका कसलो अधिकार? म्हजो हांव स्वतंत्र आसा असो विचार करून ताणें परते दोन घोंट घेतले.

श्रीनिवासाक याद जाली. सत्यान म्हणिल्लें, म्हजो सोपूत घेवप योग्य न्हय. वील पॉवराची याद करून दिवन सत्यान ताचो सोपूत घाल्लो. वील पॉवर म्हणल्यार कितें? खंयचेय विस्वासांत मग्न रावल्यार ताचे साधनेन संकल्पशक्त सामकी वाडटा अशें सत्यान म्हणिल्लें. हांवें तिचो सोपूत घेवंक नाशिल्लो. घेवचों ना. तें म्हजें कोण? म्हजी इश्टीण खंय! पयसूच रावल्यार बरें, अहंकारी. नॉन्सेन्स. म्हज्या मनांत वील पॉवर कित्याक ना? अशें म्हूण श्रीनिवासान बाटलेचें धापणें लावन ग्लास जनेलांतल्यान भायर शेंवटून मारलो.

फांतोड जायसर ताका न्हीद आयली ना. तरी ताणें सिगार पेटयली ना. तो हेवटेन-तेवटेन कूस परतीत रावलो. सकाळीं णव वरांचेर जाग येतकूच ताणें तोंड धुलें आनी हॉटेलांत वचून नाश्तो करून परतो रूमाचेर आयलो. तें म्हजेकडेन लग्न जावचें ना, पूण बेट्टय्याचे चलयेकडेन लग्न जा म्हणपाचो ताका खंयचो अधिकार? तें म्हगलें कोण म्हूण हांवें तागेलें आयकुपाचें? रास्कल! लग्न जावप, ना जावप हो म्हजे इत्सेचो प्रस्न. 'तुगेलो स्वभाव म्हाका खबर आसा. तुका घर-दार, बायल, भुरगीं जाय' अशें सत्यान म्हणिल्लें. इतलें सगळें खबर आसा जाल्यार ताणेंच म्हजी बायल जावपाक जातालें. मागता ताका कांय दिनासतना दुसऱ्याचें घर दाखयिल्लेवरी जालें. खोंट मारपाक जाय असल्यांक -

तो सिनेमा पळोवपाक गेलो ना. बियर पिलो ना. सिगाराक हात लेगीत लायलो ना. मोटारीन गांवाभायर सात-आठ मैल वतालो. रस्त्याचे कुशीक मोटार उबी करून मळाचेर अर्द मैल चलत वचून ओग्गी बसतालो. एकेक फावट सिद्धगंगेकडेन गेल्यार लेगीत मठांत वचनासतना दोंगराचे दावेवटेन चडून एका व्हडल्या फातराचेर वचून बसतालो. निर्शेवणी आयिल्लो नायक लेगीत असोच मळाचेर वा दोंगराचेर वचून एकांतांत बसता वा भोंवता हाची श्रीनिवासाक याद जाली. पूण तो जागो खंयचो? सिनेमांत दाखयतात तसलें दृश्य ह्या दोंगाराचेरूय ना आनी त्या मळाचेर लेगीत ना. इतलो सुंदर देखावो काश्मीरांतूच आसतलो. एक फावट थंय वचून पळोवन येवंक जाय. काश्मीरांत वचपाक जाय जाल्यार सत्यावांगडा वचपाक जाय. एकल्यान कितें वचपाचें? अशी कल्पना मनांत येतनाच मदींच, 'तागेलो विचार नाका. रास्कल खंयचें.' अशें म्हूण मन दुसरेकडेन वळयतालो. काश्मीर म्हणल्यार कुमुदिनीच योग्य. अकस्मात ताका कुमुदिनीची याद आयली. ह्या सत्याच्या विचारान हांवें कुमुदिनीकडेन दुर्लक्ष केलें. ना जाल्यार ती एकाद्री वांचतली आशिल्ली काय कोण जाणा! ती कित्याक मेली? तिगेलें आंग गुरवारपणाचो भार सोंसपाक जायना इतलें अशक्त आशिल्लें अशें दोतोरान सांगिल्लें खंय. ती अशक्त आशिल्ली जाल्यार लेगीत तिगेलें मुखामळ, तिगेलें उलोवप, तिगेलें आकर्शक न्हेसप हाची सर कोणाक आसा? चली जावं बायलमनीस अशी आसपाक जाय. हें सत्या कित्याक मांग समाजांतलें कशें दिसता? काम करून कित्याक हात खरखरीत करून घेतल्यात? तोवूय एकेतरेचो अहंकारूच काय कितें! पूण बायलमनशेचे हात मोव आसपाक जाय. हात हातांत घेतल्यार मोगऱ्याचो गजरो हातांत घेतिल्लेभाशेन दिसूंक जाय. नाजाल्यार कसली कोमलांगी म्हणपाची?

सात-आठ दीस श्रीनिवासाच्या मनांत कुमुदिनीच भरून आशिल्ली. पूण मागीर दोन दिसांनी तिचो विसर पडलो आनी तिगेलो जागो परतो सत्यान घेतलो. मन तळमळटालें. सत्याक पळोवपाकूच जाय अशी इत्सा मनांत जाताली. तें म्हजी बायल जावची ना हें तागेल्या अंतर्मनाक पटलें तरी ताका मेळपाची आनी ताचेकडेन उलोवपाची इत्सा मात दिसानदीस बळिश्ट जायत वताली. आतां सत्याक केन्नाच मेळूंक वच्चो ना, ताचेकडेन उलोवचों ना असो श्रीनिवासान निश्चेव केल्लो तो लेगीत तिनूच दिसांनी तुटून पडलो. 'बायल जाली नाजाल्यार कायमची इश्टीण जावन रावतलें' अशें सत्यान सांगिल्लें. म्हूण एक फावटी सत्याक मेळून येवचेंच अशें ताका दिसलें. सकाळीं नाश्तो घेवन तो

रूमार येवन न्हिदलो. आयजूच ताची भेट कित्याक घेवची न्हय? अशें येवजून तसोच तो रुमार दोन वरां खाटीर लोळत पडून रावलो. मागीर उठलो रुमाक कुलप घालें आनी मोटार घेवन गेलो. वाटेर पॅट्रोल पंपाचेर वचून पॅट्रोल घालें आनी मोटार वेगान चलोवंक लागलो.

भाटाचे वंयेचे गेटीकडेन मोटार थांबोवन तो भितर आयलो तेन्ना दनपारचीं साडेबारा जाल्लीं. सत्याच्या घराकडेन पावलो तेन्ना थंय गोड जिनसाचो शिजपाचो सुंगध येतालो. तो भितर गेलो. हवनकुंडातलो अग्नी अजुनूय तांबडो आशिल्लो. सत्या भितरले कुडींत कितेंतरी उलयत काम करतालें. मीरा भितर आशिल्लें. दाराकडेन सावळी पडिल्ली पळोवन मीरान रांदचे कुडीच्या दारांतल्यान पळयलें. आयज तें खूबच नटिल्लें. मदींच मागो काडून विणी घालून ताचेर मोगऱ्यांचो गजरो माळिल्लो. फिक्या निळ्या रंगाची नायलॉनची साडी न्हेशिल्लें आनी ताचेर त्याच रंगाचें पोल्क घाल्लें. श्रीनिवासाक पळतकूच तें भितर गेलें. सत्यान भितरल्यानूच काम करतना विचारलें, 'मीरा, खंय आसा तूं? कुंडाकडेन गेलां काय कितें?' 'ना. पळयात, हे आयल्यात' - अशें मीरान म्हणलें.

सत्या भायर आयलें आनी श्रीनिवासाक पळोवन म्हणूंक लागलें, 'हाका म्हणटात सुदैव!' कांय उलयनासतना श्रीनिवास बसपाक वतालो. इतल्यांत सत्यान म्हणलें. 'बसनाका. कुंडाकडेन आशिल्ल्या बालदेंतल्यान उदक घेवन हात-पांय धुवन यो.'

तो वचून हात-पांय धुवन आयलो. सत्यान हवनकुंडालागसार आशिल्ल्या जाग्यार तीन ताटां दवरलीं. मीरान म्हणलें, 'दोनूच पुरो. हांव मागीर जेवतां.' नाका म्हणलें आसतना लेगीत सत्यान शीत, रोस, लिंबू-शीत 'चित्रान्न', रांदनीचेर शिजपाक दवरिल्लें पायसाचें आयदन भायर हाडून दवरलें. तांतूत फातराचेर येळाचो पिठो करून मीरान पायसांत हाडून घालो. मागीर सत्यान उदकाचो तांबयो आनी पेलो दवरून श्रीनिवासाक एका ताटाच्या मुखार बसयलो. आपूणय एका ताटामुखार बसलें आनी ताणें मीराक उलो मारलो. तरिकूय तें मुरवतीन भितरूच उबें रावलें. निमाणें सत्यानूच ताका हाताक धरून पानार हाडून बसयलें.

श्रीनिवासान विचारलें, 'आयज कितें विशेश? पायस सो केला?'

'तू आनी मीरा वांगडाच जेवंदी म्हूण'- अशें म्हणटनाच सत्यान रोखडेंच आपलें उतर गिळ्ळें. आपली चूक लिपोवपाखातीर सत्यान म्हणलें, 'तूं मंत्र्याचो चलो आनी हें आमदाराची चली. पायस खावचीं नाजाल्यार कितें नाचण्याचो मुद्दो केल्यार खातलीं?'

मीरा कांयच उलयलें ना. उबो केल्ल्या दाव्या पांयाच्या धोपराचेर तकली सकयल घालून जेवतालें. दाट केसांतल्यान वचपी नीट मागो आनी ताचेफाटल्यान गच्च भरीव मोगऱ्याचो गजरोच दिसतालो. तें मुरवतीन सारकें जेवनाशिल्लें. सत्या जबरदस्तीन कितेंय वाडटालें जाल्यार मीरा व्हडलो आवाज काडून न्हयकार दिवपाक फाटीं-फुडें सरतालें.

सत्यान श्रीनिवासाक म्हणलें, 'मीरा फाल्यां बेंगळूराक वता. गिमाळ्याची सुटी सोंपली न्हय. तेखातीर वांगडाच जेवया म्हूण आमी पायस केल्लो. कितें जालां तुका? कित्याक सारको जेवना.?'

'तुमकां दोगांखातीर केल्ल्या जेवणांत हांवूय जेवपाक बसलों.'

'तूं कायंच येवजूं नाका. चित्रान्न खूब केलां. आनीक दोगा जाणांक पावसारकें आसा. जेवण कशें जालां? सांग.'

'बरें जालां.'

'मीरानूच केलां.' अशें म्हणत सत्या श्रीनिवासाच्या चेहऱ्याकडेन पळोवन हांसलें. तो हें पळोवन कासावीस जालो.

जेवण जातकूच मीरा आनी सत्यान उश्टें काडलें, आयदनां धुलीं आनी जमीन धुवन मागीर पुसली.

मीरा घराकडेन वचपाखातीर भायर सरलें. आपूण आयिल्ल्यान तें मुरवतीन रोखडेंच गेलें हें श्रीनिवासाच्या लक्षांत आयलें. पूण तो ओग्गी रावलो. भायर रखरखीत वत पडिल्लें. वतना मीरान सत्याक नमस्कार करपाक ओणोव घालो. इतल्यांत ताका आडावन सत्यान म्हणलें, 'हें कितें करता तूं?' मागीर मीरान एक चिमटी हवनांतली बिबूत घेवन माथ्याक लायली आनी श्रीनिवासाकडेन वळून, 'नमस्ते' अशे म्हूण गेलें. 'भायर मोटार आसा. घराकडेन पावोवन येवं?' अशें श्रीनिवासान विचारलें, 'नाका मदल्या शेतांतल्या रस्त्यान गेल्यार लागीं पडटलें.' अशें सांगून तें थंयच्यान वचूंक लागलें. सत्या लेगीत मीराक काय अंतराचेर पावोवन आयलें.

श्रीनिवास मोन्यांनी वाशांक पळयत बशिल्लो. हांगा आयलों जेवलो. आतां सत्याकडेन कितें उलोवपाचें? कितें उलोवपाचें तें उलोवन जालें. तशें न्हय. ताणेंच जें सांगपाचें तें सांगलां. आतां सांगपाचें-आयकुपाचें अशें कांयच उरलें ना. मागीर हांव कित्याक हांगा आयलों? येवपाची इत्सा हांगा कशी ओडून घेवन आयली? अशें श्रीनिवास येवजीत बसलो. धा मिणटांनीं सत्या परतें आयलें. वतांतल्यान आयिल्ल्यान तागेलो चेहरो घामेवन गेल्लो. भितर येवन

तागेल्या मुखावयल्या वण्टीकडेन येवन तेंकून बसलें आनी हांसून म्हणूंक लागलें, ‘एकंदरींत तुवें मीराक पसंत केलें म्हणपाचें!’

श्रीनिवासाक राग आयलो. ‘तूं ताळमेळ नासतना तोंडाक येता तें उलयता.’ ताणें म्हणलें.

‘रागाचे दोन भाशेन अर्थ जातात. आपल्या मनांतलें कोणेय उलोवन दाखयल्यार राग येता. फट उलयल्यार लेगीत राग येता. हांव फट उलयतां अशें तुका म्हणपाचें आसा जाल्यार तशें म्हण. इश्ट म्हजेर तापलो जाल्यार म्हाका निखालस राग ना. तूं मीराक गाडयेन घराकडेन पावोवपाक सोदतालो न्हय? तेखातीर हांवें तुजीं फकाणां केल्लीं. फकत विचारपाक जाय म्हूण विचारलें काय कितलें सुंदर चली वतांतल्यान वता म्हूण म्हणलें?’

श्रीनिवासाचो चेहरो तिडकीन हुलपतालो हें सत्याच्या लक्षांत आयलें. पांच मिणटां तेंवूय गंभीरतायेन बसून रावलें. मागीर सावकासायेन म्हणलें, ‘हांवें तुजीं फकाणां केलीं. चुकलें म्हजें. माफ कर.’

श्रीनिवासान तागेल्या चेहऱ्याकडेन निरखून पळयलें. तें मनाथावन उलयतालें. श्रीनिवासाच्या मनांत नवी इत्सा जागी जाली. ताणे म्हणलें, ‘सत्या असलीं फकाणां करनाका.’

‘चुकलें म्हजें. हांवें अशें उलोवंक जायनाशिल्लें. हांव अजून हाचेविशीं मीराकडेन एक शब्द उलोवंक ना. ती तुजी जापसालदारकी. तूं म्हजो इश्ट. तुका योग्य बायल मेळची अशी म्हजी इत्सा. तूं काय जाती-भेद मानिना. ताचेर आपलो विस्वास ना अशें तुवें उतर दिल्लें. म्हूणच हांवें अशें म्हणलें. एकाद्रे तुगेले आवय-बापूय हाका मान्यताय दिवचे नात. एकाद्रे कित्याक, निखालस दिवचे नात. तुगेलो आजो लेगीत मान्यताय दिवचो ना. त्या सगळ्यांचो विरोध सहन करून तूं ह्या लग्नाक तयार जावचो ना. रिती-रिवाजान मळिल्ली वाट सदांच सोपी आसता. त्याच मार्गान वचून एकाद्र्या आमदाराचे वा मंत्र्याचे चलयेकडेन लग्न जावन सुखांत राव.’

सत्याच्या ह्या उतरांनी श्रीनिवासाच्या मनांत उमाळून आयिल्ली आस्त परतीय पालवली. खंयचे बाबतींत सत्यान फकाणां केल्लीं आनी माफी मागली ह्या विचारांत कांय खीण तो घुस्पून उरलो. सत्यान मुखार म्हणलें : ‘ह्या लग्नाक बेट्टय्या सहजतायेन मान्यताय दिवचे नात हें खरें आसलें तरी तशे खर विरोध लेगीत करचे नात. कारण, कितलेंय जालें तरी ताका सकयले जातींतले मानतात. पूण तुगेले आवय-बापूय निखालस मान्यताय दिवचे नात. तूं तरी कित्याक तांगेलो विरोध पत्करतलो. मोग आशिल्ली जाल्यार विंगड गजाल.

तुगेलो काय ताचेर मोग ना. एकमेकांविशीं कसलीच म्हायती वा वळख नाजाल्यार मोग खंयच्यान तयार जातलो? मोग आसल्यार लेगीत जातीचें बंधन तोडप तितलें सोपें ना.' ह्या निमाण्या वाक्यावयल्यान आपणे फाटीं केल्ल्या अन्यायाखातीर तें आपली निंदा करता अशें श्रीनिवासाक दिसलें. तिडकीन थंयच्यान उठून वचचेंशें दिसलें. पूण उठून वचपाची शक्तच सत्यान काडून घेतिल्लेवरी तो थंयच बसून रावलो.

सत्यालेगीत ओग्गी बशिल्लें. मात्शा वेळान तें उठलें आनी दोन पेले कॉफी करून हाडली. एक पेलो श्रीनिवासामुखार दवरलो आनी दुसरो आपल्या हातांत घेतलो. श्रीनिवास कॉफी पियेतना सत्यान विचारलें. 'तुका हांगा येवन आठ-धा दीस जाले आसतले न्हय? तुगेली भलायकी पयलींपरस आतां बरीच सुदारल्या.'

'खरें?' श्रीनिवासान म्हणलें.

'म्हाका तशें दिसता.' सत्यान म्हणलें.

'सत्या, हांवें बियर आनी सिगार सोडून दिली. सिनेमाकूय वचना.'

'खरें?' अजाप आनी तोखणाय उक्तावन सत्यान म्हणलें, 'पळय, मनशाचे संकल्पशक्तीपरस कितेंच व्हड न्ही.'

'त्या दिसा तें चली बरयतालें तें कितें?'

'हरिजनांनी कितें करपाचें हे संबंदात एक पुस्तक बरयतां. तागेल्या भावाचीच कल्पना, इतिहासिक घडणुकांचो संग्रह करून हांवें तें बरोवन काडलां. तेचखातीर साडेतीन म्हयने हांव म्हैसूरांत आशिल्लें. थंय हॉस्टेलांत रावन लायब्ररींत बसून नोटस् तयार करून हाडले. आतां तें छापपाक गेलां.'

श्रीनिवास सांजेचीं पांच वरांमेरेन थंयच बसून गजाली करतालो. तो वच्चे पयलीं सत्यान जेवण जातकीच उरिल्लो पायस आनी चित्रान्न ताका खावपाक दिलें. तोय सत्याकडेन कसलीच इत्सा, निर्शेवणी मनांत बाळगिनासतना मेकळेपणान उलयतालो.

वतना मोटार सुरू करतना श्रीनिवासान विचारलें, 'तुवें जें म्हणलें तो तुगेलो निमाणो निर्णय?'

'खंयच्या संदर्भात?'

'म्हजेविशीं.'

'तुजेविशीं निमाणो निर्णय तुकाच घेवपाक जाय. म्हजो तुजेकडेन लग्न जावपाचो आतां प्रस्नूच उरूंक ना. तुवें मीराकडेन लग्न जावचें अशी फकत हांवें

सुचोवणी केल्या. पूण हें काम सोपें न्हय. तूं तुगेल्या बऱ्या-वायटाचो विचार कर आनी तुगेलो निर्णय तूं घे.'

'म्हज्या मनांत एक दुबाव आयला.' अशें श्रीनिवासान म्हणलें.

'कितें?'

'तुजें मन त्या मोहनदासाचेर गेलां.'

'श्रीनिवास, जाय जाल्यार हांव तुगेलो हात हातांत घेवन सांगतां, हें सामकें फट. कॉलेजींत शिकतना कांय 'ढ' इश्टांक हांव नोटस् काडून दिनाशिल्लें? तशेंच मोहनदासाक पुस्तक बरोवन दिलां. तागेले जातीची परिस्थिती म्हाका सारकी खबर नाशिल्ली. ताचेकडल्यान हांवें म्हायती मेळयली. तें सोडलें जाल्यार आमचेमदीं आनीक कायंच ना. आनी समज, तशें कितेंय आसलें जाल्यार तुगेल्या पोटांत कित्याक दुखता?'

तो कांयच उलयलो ना. ताणें मोटार स्टार्ट केली. सत्यानूच मुखार म्हणलें, 'मनांत नाका जाल्लो दुबाव घेवन असो तळमळूं नाका. म्हजो लग्न जावपाचो विचारूच ना.'

## 4

जेष्ठ म्हयन्यांतली एक व्हडली दडक येवपाची लक्षणां दिसून येतालीं. आदल्या दिसा लेगीत पावस झडिल्लो. सकाळीं वोत आयिल्लें तरी अस्तंतेकडल्यान थंड वारें व्हांवतालें. तळ्यावयर दिसपी मोड माथ्यावयल्यान चलतालें. जेष्ठ-आशाढ म्हयन्यांक फावो तितलीं लाकडां फोडून साठोवन दवरचीं अशें सत्यान येवजिल्लें. माडांच्यो पोंयो, चुट्टां, पिडारे हांचो रांदपाखातीर उपेग करपाक जाता. पूण हवनाखातीर बरें लाकूड जाय. हवनांतलो अग्नी पेटतच आसूंक जाय. कवाथे लावचे पयलीं कापिल्ल्या बाभळी झाडाचे लाकडाचे दामे पडिल्ले. ताचीं कापटुलां केल्यार हवनाक आनी रांदपाखातीर उपेग जातलो असो विचार करून गोरवां बांदपाक आनी शेतकामाखातीर उपेगाक पडपी आवतां दवरपाखातीर बांदिल्ल्या जाग्यामुखावयल्या मेकळ्या जाग्याचेर सत्यान लाकडां फोडपाक सुरवात केली. ताका लाकडां फोडपाची पद्धत खबर आशिल्ली. झाडाच्या कांडाचेर आशिल्ली विशिश्ठ रेग वळखून ताचेर एकेकडेन वेवस्थीत घाव घाले जाल्यार ताचे लोबदे पडटात हें ताका खबर आशिल्लें. वांकडे-तिकडे घाव घाले जाल्यार मात केल्लें कश्ट फुकट वता. पूण हे बाभळीचे दामे सुकिल्ले. तेखातीर हें काम

खूब कश्टाचें आशिल्लें. योग्य रेग सोदून काडून एकाफाटोफाट कुराड चलोवप ताका चड त्रासाचें दिसपाक लागलें. कुराडीचो घावो घालून वयर सकयल करपाच्या येत्नांत तागेल्या उजव्या हाताच्या तळव्याचेर दोन फोड आयले. एक वर्स जालें तें ह्या भाटांत रावतालें. तें करतालो तो वावर, खणप, सारें घालपाचें, निवळ करपाचें, असल्या कामांक लागून तागेल्या तळटाचेर खूब फोड आयले, फुटले, सुकले आनी परते आयले. तागेलीं दोनूय तळटां ह्या खूब फोडांच्या दागांनी घट कशीं जाल्लीं. पूण लाकूड फोडिल्ल्यान आनीक खूब फोड आयले. पूण पावस सुरू जाल्यार हें काम तशेंच उरतलें अशें येवजून ताणें ह्या फोडांकडेन दुर्लक्ष केलें. एका वराभितर ताणें सुमार पांच दामे फोडून काडले.

तितले म्हणसर मोहनदास थंय आयलो. ताणें काळे बूट, धवें पेंट आनी धवो बुश-शर्ट घाल्लो. पयसुल्ल्यान सत्या ताका वळखलें. लागीं येनाफुडें ताणे विचारलें, 'धवी बाभूळ न्हय?'

'हय.'

'घाव बसतना आवाज येता ताचेवयल्यान कळटा. फोडूंक जाता?'

'हीं पळय, इतलीं फोडून दवरल्यांत.' फोडून दवरिल्ले राशीकडेन हात दाखयत कमर नीट करून उबें रावन सत्यान म्हणलें. कांय वेळ उजव्या हातांत कुराड धरून स्वास ताळ्यार हाडटकूच सत्यान परतें विचारलें. 'काल गांवात आयिल्ले?'

'हय. पुस्तक छापपाचें काम आतां अर्द्यार पावलां. बेंगळूरांत तें काम चल्लां. म्हज्या इश्टांक लेगीत खूब आवडलें. हांचें श्रेय आनी प्रसिद्धीय तुमकांच.'

'प्रसिद्धी मेळची हेखातीर हांवें बरयलें ना. म्हाका तुमगेलो हेत आवडलो म्हूण हांवें बरयलें.'

'पुस्तक म्हणटकूच लेखकाचें नांव बरोवपाकूच जाय. तुमगेलेंच नांव घालपाचो निर्णय घेतला.'

'कोणे निर्णय घेतला?'

'अशें दिसता तुमकां पुराय म्हायती खबर ना. हांवूय कोणाक सांगना. आतां तुमीय आमचेपैकीं आशिल्ल्यान तुमकां सांगतां. तातूंत पुस्तकूय तुमीच बरोवन दिलां.'

'पुस्तक बरोवन दिलां म्हूण तितले खातीरूच म्हाका तुमी तुमचेपैकीं कशे म्हणपाक शकतात?'

'हांव काय तुमचेभाशेन इतिहासाचो विद्वान न्हय. पूण हांवें वाचन केलां ताच्या आदाराचेर सांगतां. सकयले जातींतल्या, दलित, शोशक वर्गाक बळी पडपी लोकांचो उद्धार करपाचो सगळ्यांत पयलीं येत्नूय वयल्या जातींतलेच लोक करतात. तेखातीर विचार, चळवळ, सुरवात करपी चडशे करून वयल्या जातींतलेच. बुद्द, एंगेल्स, लेनिन् पळयल्यात. बसवण्णा जल्माक आयिल्लो ब्राह्मण जातींतूच. गांधीय वेपारीच. हे सगळे स्वता जल्मल्ले जातींतल्यान भायर आयले. स्वता निर्मणी केल्ल्या समाजाचो भाग जाले.'

'हांव म्हजें भाटातलें घर सोडून तुमचे वसतेंत घर बांदपाक जागो मागतलें अशें तुमकां दिसलें?' अशें म्हणून सत्या हांसलें.

'तशो तुमी रावपाक आयल्यार आमगेल्या वसतेंतल्या लोकांचें भाग्यूच म्हणपाचें. पूण ते लोक हाका मान्यताय दिवचे नात. ब्राह्मण आमगेले वसतेंत आयले जाल्यार लक्ष्मी भायर सरून वता असो तांचो समज. जेमेरेन हो कुड्डो विस्वास तांचेभितर आसतलो, तेमेरेन ते कशे आत्मसन्मानान जगतले?'

'आतां ह्या पुस्तकाविशीं कितें करतात तुमी?' सत्यान विचारलें.

'आमी सगळ्या इश्टांनी हाचेर विचार केला. त्या पुस्तकाचें नांव 'बळ होच सन्मान' अशें दवरपाचें. लेखकाचे जाग्यार कुमारी टी.वी.सत्यभामा. प्रकाशन - बलसंवर्धन संघ.'

'बलसंवर्धन संघ म्हणल्यार खंयचो?'

'तुमकां सांगलें ना हांवें. म्हगले कांय इश्ट आसात. एकलो तुमकूरांत आसा. काय जाण बेंगळूरांत आसात. कांय जाण शेता-भाटाचीं कामां करतात. तातुंतले कांयजाण पयशेकार आसात. सगळे साधारण शिकिल्ले. म्हणल्यार म्हजेभाशेन कॉलेजींत वचून नापास जाल्ले. कांयजाण पास जाल्ले. आमी सगळ्यांनीं मेळून एक कार्यावळ आंखल्या. ह्या पुस्तकांत बरयलां तेप्रमाण प्रत्येक देवळांत प्रवेश करपाचो, खेड्यांतल्या हॉटेलांत घुसपाचें, वयले जातींतले वसतेंत घरां बांदपाचीं. हाचो गांवगांवांनी प्रसार करपाचो असो आमचो हेत आसा. हो प्लॅन फळादिक जावचो ना हें आमकां खबर आसा. आनी अशें कांयच जावचेंय ना. एकदम क्रांतीकारी जावंक जाय. डायनामायट वापरूंक जाय अशें कांय जाण म्हणटात.'

सत्या उद्विग्न जालें. पूण तातुंतूच ताका समाधानूय जालें. ताकाय मनांतल्या मनांत दिसलें, अशेंच कितेंयतरी घडूंक जाय. तेबगर तीन-चार हजार वर्सांच्यो चाली-रिती, रुढी पुसून उडोवपाक शक्य जावचें ना. सत्यान म्हणलें, 'हालींसरा

तुमगेल्या समाजांतले खूब जाण शिकत आसात. तांकांय तुमगेल्या संघात घेयात, संघ बळिश्ठ जातलो.'

'ट्रॅजेडी कितें आसा तुमकां खबर आसा? आमगेल्या लोकांक सरकार नोकरी दिवपाक लागलां. ताचोच बाधीकार जाला. शिक्षण सोंपतकीच सरकारी नोकरी मेळटा. आनी सरकारी नोकरान असल्या संघात काम करपाक जायना!'

'सार्वजनिक काम करतल्यान एका थाराविक विचाराची गुलामगिरी करची न्हय.'

'सार्वजनिक म्हणल्यार कोण? वयल्या जातींतले. आमी चार हजार वर्सां जाल्लीं, गुलामगिरी करीत आसात. हीच गुलामगिरी सरकार मुखार व्हरपाक सोदता.'

सत्या गंभिरतायेन विचार करीत उबें रावलें. उजव्या हातांत कुराड तशीच आशिल्ली. मोहनदास तायट, शिस्तीन उबो राविल्लो. सत्यान म्हणलें 'पूण एक सांगतां, पुस्तकाचेर म्हजें नांव छापनाकात.'

'कित्याक? मुखार केन्नाय ह्या संघाचेर सरकारची वायट नदर पडटली आनी तेन्ना पुस्तकाचेर तुमचें नांव आशिल्ल्यान तुमकां त्रास जातलो म्हूण?' मोहनदासान म्हणलें.

सत्यान असो विचार करूंक नाशिल्लो. पूण मोहनदासान चाळयिल्ल्यान ताका राग आयलो. सत्यान विचारलें, 'धिटायेचो मक्तो फकत तुमकांच मेळ्ळा अशें तुमकां दिसता? व्हडान आड्डुवप हाची सकयले जातींतल्या लोकांक गरज आसता. तांकां आत्मप्रेरणा, पौरुषाची गरज आसना. पूण वयल्यांक स्वयंप्रेरणेन सकयल्या पांवड्यार देंवपाखातीर चड धिटायेची गरज आसा. कितलेंय जालें तरी तो आपले वयले जातीच्या समाजाचो एक भाग आसता. सकयले जातींतल्या समाजाचो विरोध तांच्या व्यक्तिमत्वांतूच आसता. तो जिखून येवप ही काय ल्हान सान गजाल न्हय. हांव कितें म्हणटां तें कळ्ळें?'

'पूण तुमी जेमेरेन सकयल्या लोकांच्या आवाजांत आवाज मेळोवपाच्या थरामेरेन देंवनात तेमेरेन तुमी आपले वयले जातीच्या विरोधाचेर मात केल्या म्हूण कशें म्हणूं येत?.'

सत्याक ह्या प्रस्नाचो राग आयलो. रागाचे स्वाधीन जावप म्हणल्यार मनाचें कमीपण, असो विचार करून ताणें स्वताक थातारलें. ताणें म्हणलें, 'तुमगेल्या संघाचें ध्येय आनी उद्देशाचें अजूनय म्हाका स्पश्टीकरण जावंक ना. ह्या पुस्तकांत ज्या कार्यक्रमाविशीं बरयलां, तें म्हाका मान्य आसा. डायनामायटाचो उपेग करून क्रांती करपाचो उल्लेख तातूंत ना. पूण तुमच्या संघांत आनी उद्देशांत

तें आसा. तें म्हाका मान्य ना. अशें आसतना हांव त्या पुस्तकाक म्हजें नांव कित्याक दिवं?'

'डायनामायटाबगर काम जातलें? चार हजार वर्सांसावन दाटिल्लो चिखोल लासून गोबोर केलेबगर नवें पीक कशें येतलें? चार हजार वर्सां म्हणल्यार चार युगां गेलीं अशी म्हजी कल्पना. आतां प्रलय जावंक जाय. ताचे उपरांत खरो धर्म आशिल्ल्या नव्या युगाची सुरवात जावंक जाय.'

मोहनदासाचें उलोवणें सत्याक आकर्शक दिसलें. युग, युगचक्र, धर्म ह्या शब्दांनी ताका आपल्या अप्पांची याद आयली. वसिष्ठ, सत्ययुग अशें कितेंतरी म्हणटाले. ते निमणे दिसांनी तर अप्पा त्याच युगांत जगताले. आतां हो मोहनदास तेंच सांगता. पूण बुदवंतकायेन युग बदलूंक जाता, असो प्रस्न उप्रासलो. युग म्हणल्यार कितें? मनीसयेत्नाच्या प्रभावा पलतडीं वचून विश्वाचें नियंत्रण करपी धर्माचो नेम म्हणल्यार युग? ताका दिसलें न्ही अशें न्ही. तें सगळें मनशांनीच आपल्या जिविताप्रमाण थारायलां. ताका कृत, त्रेत अशीं नांवां दिल्यात इतलेंच. पुराणाचो अर्थूच असो. एक अजापाची गजाल मनांत उत्पन्न जाली. कसलो हो पुराणाचो जादू! तातुंतल्यान सुटका जालेबगर नवो समाज, नव्या जिविताची निर्मणी जावंक शकची ना. नव्या जिविताचें समर्थन करतनाय पुराणाचो आदार घेवचो पडटा. मोहनदास लेगीत युग, प्रलय, असल्योच गजाली करता. कितें हें विचित्र!

'कसलो विचार करतात तुमी? पुस्तकाक तुमचें नांव घालपाचें वा ना घालपाचें हाचेविशीं आमी मागीर उलोवया. आयज म्हाका सुटी आसा. तुमगेलें खावप-पिवप जालें?' मोहनदासान विचारलें.

सत्याच्या पोटाक चुरचुरीत भूक लागिल्ली. आता तागेलें लक्ष तेवटेन गेलें. सत्यान म्हणलें, 'पयलीं हें सोंपोवया. मागीर जेवण-खाण.'

'आयजूच सोंपोवपाक जाय असो म्हूर्त आसा काय कितें?'

'खंयचेंय काम अर्दकुटें सोडल्यार म्हाका बरें दिसना. तुमी थंय बसात. हांव तुमचेकडेन उलयतां उलयतां लाकडां फोडटां.' अशें सत्यान म्हणलें.

'ती कुराड म्हजेकडेन दियात. हांव लाकडां फोडून दितां. तुमी वचून खाणा-जेवणाचें कितेंय पळयात. मीरा खूब तोखणाय करता तुमगेल्या खाणा-जेवणाची! म्हाका एकूय दीस तुमी कांयच दिलें ना.'

'पूण तुमकां लाकडां फोडपाक येतात?' सत्यान विचारलें.

'हांव मांगाचो चलो. म्हाका तशें करपाक आयलें नाजाल्यार घराण्याचो अपमान.'

‘पूण तुमगेलो बापूय एम.एल.ए. न्हय?’

‘तीच तर शोकांतिका. कुराड वापरपाची संवय आशिल्ली जाल्यार चार जाणांच्यो तकल्यो धडावेगळ्यो करपाक सोपें जातलें आशिल्लें.’ अशें म्हणत ताणें आपलो धवोफुल्ल शर्ट काडून घडीकरून थंयच एका निवळ फातराचेर दवरलो. हातांतली घडयाळ काडून ताचेर दवरली. सत्याच्या उजव्या हातांत आशिल्ली कुराड घेवन ताणें अर्दकुटो फोडिल्ल्या लाकडाच्या दाम्याचेर एक घाव घालो. त्या घावासरशीं लाकडाचो व्हडलो कुडको तुटलो.

‘सगळेच व्हडले कुडके नाकात. हो व्हडलो कुडको रांदपाखातीर उपेगाक पडटलो. कांय ल्हान कापट्टुलां हवनाखातीर म्हाका जाय. पळयात असलीं’ अशें म्हणून ताणें आपणें केल्ल्या कुडक्यांतलो एक कुडको काडून मोहनदासाक दाखयलो.

आनीक एक कुराडीचो घाव घालतना मोहनदासान विचारलें, ‘तुमी कितें नाजाल्यार कितें करत आसतात अशें हांवेंय आयकलां. ही अंधश्रद्धा कित्याखातीर?’

‘चर्चा करपाक सुरवात केल्यार कामां जावचींना. म्हाका भूक लागल्या.’ अशें म्हूण सत्या घरांत गेलें. तें अजून न्हावंक नाशिल्लें. कांयवेळ तें विचारांत पडलें. आतां खावंक कितेंय करपाचें काय रांदपूच करपाचें? रांदप करपाचें अशें ताणें थारायलें. कुंडाकडेन वचून न्हावंक ताका मुरवत कशी दिसली. तेखातीर ताणें कुंडांतल्यान दोन बालदेंत उदक हाडलें आनी भितरले ल्हान न्हाणयेंत बसून न्हालें. भितर येवन, धुल्ली साडी आनी पोल्क घालून, भिजयिल्ले कपडे कुंडाकडेन व्हरून धुले आनी बांदाचेर सुकत घाले. ते उडून वच्चे न्हय म्हूण ताचेर ल्हान-ल्हान फातोर दवरून तें भितर आयलें. आनी ताणें रांदन पेटयली. भायल्या हवनकुंडांतूय हवनाची तयारी करून रांदनीचेर दाळ आनी शिताक दवरून ताणें चुलींतलो उजो सारको केलो. भायर येवन ताणें संध्या करून, ल्हान आयदनांत तूप घेवन हवनाक सुरवात केली.

छक् छक्, कट् असो भायर कुराडीन लाकडाचेर घावो घालता तो आवाज आयकूंक येतालो. ताचेकडेन लक्ष दिनासतना तें हवन-विधी करपाक मग्न जाल्लें. अर्दवरान हवन आटपून तें रांदचेकुडींत गेलें. शीत जाल्लें. दाळ शिजिल्ली. शीत करून ताणें सकयल दवरलें आनी एका आयदनांत आमटाण भिजत घाली. दाळीक मिरसांगेपिठो घालून रांदनींतलो उजो सारको केलो आनी तें भायर मोहनदास लाकडां फोडटालो थंय आयलें. थंय येतकूच ताका अजाप दिसलें. ताणें सकाळसावन दोन दामे फोडिल्ले. तितलेच खातीर तागेलें एक वर

गेल्लें. आतां मोहनदासान हातांत कुराड घेतल्यार चडांतचड एक वर वा सवाय वर जालें आसतलें. तितले म्हणसर ताणें पांच दाम्यांचे कुडके केल्ले. आतां फकत एकूच दामो उरिल्लो. सत्याचे नदरेन हें पुराय एका दिसाचें काम आशिल्लें. पूण अशें दिसभर फोडपाक म्हाका शक्य जातलें आशिल्लें काय कोण जाणा! मोहनदासाच्या तोंडावयल्यान, मानेवयल्यान घामाच्यो पावळ्यो देंवताल्यो. आंगावयलें बानियन लेगीत घामान ओलें जाल्लें.

'तुमच्या कडल्यानूच सगळीं लाकडां फोडून जालीं. आतां तुमकां पुरो जालां आसतलें. हो हांव फोडटां. मागीर फोडल्यार लेगीत जाता.'

'वयर मळबांत पळयात. पावस येतासो दिसता. पयलीं हीं फोडिल्लीं कापटुलां भितर व्हरून दवरात.' अशें म्हणत तो कुराडेन घावे घालीत आशिल्लो.

सत्यान मान वयर करून पळयलें. कुपांनी मळब काळें जाल्लें. वारें व्हावपाचें थांबिल्लें. गोठ्याचें दार काडून बेगबेगीन भोरो कसो करून हाताचेर घेवन, वचून कुडीचे वण्टीक तेंकून दवरले. पावसाचे एक-दोन थेंबे पडले. कितलीय ताकतीक केल्यार लेगीत सगळी लाकडां आडोशाक हाडूंक जावचीं ना अशें सत्याक दिसलें. चार-पांच म्हयने रांदपाक आनी हवनाक पावतलीं इतलीं तीं लाकडां आशिल्लीं. ताणें ताकतिकेन लाकडांचो चवथो वांटो भितर हाडून घालो. तितले म्हणसर मोहनदासान निमणो दामोय फोडलो. आनी मागीर लाकडां भितर व्हरपाक हातभार लायलो. उरिल्लीं लाकडां एका व्हडल्या पाटल्यांत घालून भितर हाडून दवरलीं. मागीर पावस पडपाक सुरवात जाली. सत्या कुंडाकडल्या बांदाकडेन धावलें आनी थंय सुकत घाल्ली साडी, पोल्क, घागरो, ब्रा सगळें झरझरीत ओडून एकठांय केलें आनी मोहनदासाक उलो मारून तें घरांत गेलें. तोय घडयाळ आनी शर्ट घेवन भितर आयलो आनी घाल्ले शेंदरेचेर बसलो. भायर घसघशांनी पावस पाडपाक सुरवात जाली. असलो घोग्याचो पावस पळोवन कितलीं तरी वर्सां जाल्लीं.

दाळींत आमटाणेचो कोळ आनी मीठ घालतकूच सत्यान म्हणलें - 'नाश्तो केलो ना. जेवणूच तयार आसा. तुमी हात-पांय धुवन येयात.'

तो दाराभायर आयलो आनी एका फातराचेर उबो रावन पोनेळांतल्यान पडटल्या उदकापोंदा दोनूय हात धुले. 'शाबू दिवं?' अशें सत्यान विचारलें. ताणें नाका म्हणलें. रांदचे कुडींतल्या दाराकडेन दोगांकूय ताटां दवरून शीत, रोस, धंय आनी तुपाचें आयदन मदीं दवरून उदकाचो तांबयो आनी पेले

दवरले. पांयातले बूट आनी मेय काडून, परते हात धुवन, सत्यान दिल्ल्या तुवाल्यान तोंड-हात पुसून मोहनदासान म्हणलें, 'म्हाका एक कुलेर जाय.'

'कित्याक? ही इंग्लीश पद्धत काय कितें?'

'ना. इंडियन पद्धतूच, संवय नाशिल्ल्यान अशें जालां.' अशें म्हूण दोनूय हात ताणें सत्या मुखार धरले. दाव्या हाताचेर फोड टणटणीत आयिल्ले. उजव्या हातावयले चार फोड फुटिल्ले. तेखातीर थंय रगत येतालें. 'रोस लागतकीच हात भगभगतलो' ताणें म्हणलें.

'सॉरी, तुमी लाकडां फोडटात म्हणलें म्हूण तुमचेर सगळें काम सोंपोवन हांव भितर गेलें. रिअली सॉरी' अशें म्हूण तें दुख्खी जालें.

'सॉरी कित्याक म्हणूंक जाय? लाकडां फोडटना म्हाका कशें दिसलें खबर आसा? ल्हानपणांत म्हणल्यार आमचे अप्पाजी आश्रमांतल्यान येवचेआदीं आनी सरकाराकडल्यान सवलत मेळून हांवें व्हाणाचें दुकान घालचे पयलीं, हांवूय खूब काम करतालों. घरांत लेगीत काम करतालों. मामागेर शिकतना लेगीत हांव काम करतालों. आतां दुकानाच्या कामाच्या व्यापांतल्यान वेळ काडून असलें काम करपाक मेळना. हातांक संवय नाशिल्ल्यान अशें जालें. आतां लाकडां फोडटना एक फोड आयलो. तेन्ना हें थांबोवचें कशें दिसलें. पूण लज दिसली. हाताक एक फोड येतकूच कुराड सकयल दवरपी मनीस क्रांती कसो करतलो अशें दिसलें. म्हूण हांव थांबलोना. सगळीं लाकडां फोडून मेकळों जालो. मन तृप्त जालें. आय मस्ट थँक यू.'

तशीं घरांत दोन कुलेरां आशिल्लीं. तीं मुखार दवरून सत्यान म्हणलें, 'तशें जाल्यार रोसाचें शीत, धंयाचें शीत, वेगवेगळें कालोवन वाडटां. म्हणल्यार जेवंक बरें जातलें.'

'गूड आयडिया.'

ताका दोन ताटांत कालोवन दिवन जेवपाक सांगलें, 'मागीर जाय जाल्यार आनीक कालोवन दितां.' सत्यान म्हणलें.

'तुमीय जेवन घेयात. दाव्या हातान वाडून घेवंक जातलें. कुलेरान कालोवपाक जातलें.' अशें मोहनदासान म्हणलें.

दोगांय जेवपाक बसलीं. एक घांस तोंडात घालून मोहनदासान म्हणलें 'तुमी नाचण्याची उकडी खायनात?'

'आयज रोस करपाक भाजी नाशिल्ली.'

'रोस म्हणल्यार कितें?'

'सांबार.'

'ओह, ती ब्राह्मणांची भास. आमी ब्राह्मणपण शिकल्यात तें हॉटेलकारा कडल्यानूच. कारण ब्राह्मणांनी आमकां घरांत घेतलें ना आनी कांयच शिकयलें लेगीत ना.'

'तुमकां नाचण्याचो मुद्दो आवडटा?'

'फकत शितान पोट भरना. शक्तूय मेळना. गांवात येतकूच दोन फावटी जेवतां. तुमकूरांत मांसाहार घेतां. सारकें जाता.'

हें आयकून सत्याच्या चेहऱ्याचेर अप्रियतेचे भाव येवन गेले. हाची जाणविकाय जातकूच मोहनदासान रोखडेंच म्हणलें, 'फकत मांगूच मांसाहार घेतात अशें न्हय. हेर लोकूय खातात. आतां ब्राह्मणांनी खावंक सुरवात केल्या. तेखातीर तांचे दर लेगीत वाडल्यात. वेदकाळांत तुमी लेगीत मांसाहार घेनाशिल्लीं?'

'मोन्यांनी जेवात. मदींच तीख उतरां वापरून उलोवपाच्या सभावाक तुमी कित्याक सुदारनात?'

तो ओग्गी रावलो. एक मिनीट सकयल मान घाली आनी म्हणलें, 'सॉरी.' मोहनदासाक खिन्नतेंतल्यान भायर काडपाखातीर सत्यान विचारलें, 'तुमी देवाचेर विस्वास दवरतात?'

'आतां कित्याक तो प्रस्न?'

'हवनाविशीं कितें विचारूंक सोदताले तें मागीर उलोवया अशें म्हणिल्लें न्हय?'

'उतराक परती तीखसाण मारतली, नाका.'

'कांय हरकत ना. उलयात.' अशें सत्यान म्हणलें.

तोंडातली उंडी गिळ्ळी आनी तांबयातलें उदक पेल्यांत ओतोवन तें पिलो आनी म्हणलें : 'तुमी सदां अग्नींत तूप घालून पुजा करतात खंय. मीराची ताचेर भक्ती बसल्या. ताका तुमगेले जातींत कन्व्हर्ट करून घेतात? म्हजो असले पुजेचेर विस्वास ना.'

'हवन म्हणल्यार देवाची पुजा न्हयच. जेन्ना देवपुजेक सुरवात जाली तेन्नासावन आमच्या समाजाच्या पतनाक सुरवात जाली. अशें म्हजें मत.'

'हें सत. हें फकत हिंदू देवांमदीं मर्यादीत ना. खंयच्याय देवतांचेर लागू जाता. लोकांमदीं फूट आनी भेदभाव जागृत करपी सामकी वायट शक्त म्हणल्यार देव. अल्ला श्रेश्ठ काय ख्रिस्ताचो बापूय व्हड म्हूण कितलीं युद्धां जालीं! अल्ला व्हड काय राम व्हड ह्या मतभेदांत हिंदुस्थानांत कितले लोक मेले! हिंदू भितर लेगीत विष्णू आनी शंकराच्या नांवान कमी झगडीं जाल्यांत? ही

चूक देवाची न्हय. देवाच्या नांवान लोक चुको करतात अशें जाणट्यांनी म्हळां. फाटलीं चार-पांच हजार वर्सां लोक आपल्या नांवाचो गैरवापर करतात हें त्या खऱ्या देवाक समजूंक जाय काय नाका? मत, धर्म, देव म्हणल्यार सामकीं मूर्खपणा.'

'पूण हें हवन म्हणल्यार पुजा न्हय.'

'अग्नी म्हणल्यार देव न्हय? हांगा अग्नींत तूप ओतोवन हवन केल्यार थंय देवाक पावता ह्याच विस्वासान तुमी हें करतात न्हय?'

सत्याचे बुद्दीक धपको बशिल्लेवरी जालो. तागेलें सगळें आंग मुयेलें. हीवूय एकेतरेची मूर्तीपुजाच आसत. पूण 'ब्राह्मणोस्य मुखमासीत्' असो आदार दिवन जातीवेवस्थेक कारणीभूत जावपी मूर्तीपुजा तर न्हय. ताणें म्हणलें, 'मनशाच्या अध्यात्मिक तृप्तीखातीर वा वाडीखातीर एक नाजाल्यार एक प्रतीक जाय. म्हाका हें सगळ्यांत बरें कशें दिसलें. सगळें लासून भस्म करून शुद्ध करपाफाटलो सांकेतिक अर्थ लेगीत व्हड आसा.'

'म्हाका तें खबर ना. पूण ह्या तीन-चार हजार वर्सांसावन ही अग्नीपूजा आमचेपासत पयस दवरल्या न्हय वयल्या तीन जातींतल्या लोकांनी! इतले दीस भेद वाडोवन चलिल्ल्या ह्या प्रतिकाक कसली नीत आसा? म्हाका तें खोंटावन उडोवपाक इतलेंच कारण पुरो.'

'पूण एक गजाल तुमी पळयात. समेस्त धर्मांच्या प्रतिकांक रूढी सदांच भश्ट करीत आसतात. हेर प्रतिकांच्या तुळेंत कमी विटाळ जाल्लें हें प्रतीक अशें जायजाल्यार म्हणात. मनशाक एक नाजाल्यार एक प्रतिकाची गरज आसा. हेंवूय काडून उडयलें जाल्यार आमचेकडेन कितें उरतलें? आमी एका धर्माचे आसात ही ऐक्याची भावना जागोवपी खंयची शक्त उरतली?'

'ही ऐक्याची भावना तरी कित्याक जाय? मनीस मनशाभाशेन रावलो जाल्यार तितलें पुरो जावचें ना?' मोहनदासान म्हणलें.

'तशें तुमी म्हणटात. पूण सामान्य मनशाक तितलें पुरो जायना. आमी खंयच्याय पंगडांत भरसुचें न्हय अशें थारायलें तरीय हेर धर्माचे पंगड ओग्गी रावनात. ते रित्या जाग्यार आपलें प्रतीक लायतात. हाचो फाटलो अर्थ म्हणल्यार आपलो विस्वास रुजोवपाचो येत्न ते करीत रावतात. आमी हिंदू म्हणटकीच एक समान प्रतीक आमकां नाका? रावात, आनीक इल्लो शीत-रोस वाडटां.' अशें म्हणत सत्यान दाव्या हातान शीत आनी रोस वाडलो. मोहनदासान पुरो म्हणलें. धंया शीताक दवरिल्ल्या ताटांत शीत वाडूंक ताणें नाका म्हणलें. शीत-रोस कुलेरानूच एकठांय करून कालयलो आनी तोंडात

घालतकूच म्हणलें, 'हिंदू म्हणटकूच म्हज्या मनांत एक विचित्र भावना निर्माण जाता. इतलीं वर्सां आमकां पांयपोंदा माडोवपी त्या शब्दाचो हांव कितलो तिरस्कार करतां हें तुमकां कळपाक खूब कठीण. ताचीं पाळांमुळां हुमटून, लासून नश्ट करून उडयल्यार लेगीत म्हजी तृप्ती जावची ना. हांव तापसाणेन उलयतां अशें म्हणूं नाकात. खरें तेंच सांगतां हांव.'

'म्हाका ताची जाणविकाय आसा. पूण तुमगेलो हो द्वेश खंय पावला, हें खबर आसा तुमकां? तुमी तातूंत इतले मुंगरल्यात, तातुंतल्यान भायर येवप तुमकां शक्य ना. इतलेंच न्हय, तुमगेल्या देवाक वयले जातींतले हिंदू कितले मानतात तुमकां खबर आसा? प्लेग, कॉलराची साथ आयल्यार, गाय व्हिली ना जाल्यार, दुकळ पडल्यार वा आनीक कसलींय संकटां आयल्यार हे सगळे तुमगेल्या देवाकूच शरण वतात.'

'मूर्खपणाच्या आदाराचेर हो एकवट दिसता हें खरें. पूण तांणी आमकां पांयापोंदा चिड्डीले, आमचेर केल्ले अत्याचार, आमकां गांवाभायर दवरप, आमचे सावळेचो विटाळ मानप, ह्यो सगळ्यो गजाली सामक्यो कुस्कुटावरी अशें तुमकां म्हणपाचें आसा?'

'तुमी जाय जाल्यार इतिहासांत खंयूय पळयात. एकठांय राविल्ले भाशेन एकमेकांचेर अन्याय करीत आसतना लेगीत एकमेकांविशीं एके तरेचें विचित्र आकर्शण निर्माण जाता. ते एकाच जनांगाचे भाग जावन वतात. मागीर तातुंतल्यान भायर वचपाचो कितलोय येत्न केल्यार लेगीत भायर सरूंक शकनात. निमणें वैदिकांक नांवां दवरीत वैदिक जावचें हीच तुमगेल्या अंतर्मनाची इत्सा आसता. कारण तुमी सगळे एक ना एक तरेचे वैदिक संतान जाल्यात. इतलेंच न्हय...'

इतल्यात दारांत कोणतरी येवन उबो राविल्लो दिश्टी पडलो. भायर पावस घोग्यांनी पडटालो. दोगांय उलोवपांत इतलीं गुल्ल जाल्लीं, तांचें आनी थंय लक्ष वचूंक नाशिल्लें. दारांत एक चौदा- पंदरा वर्सांचो चलो उबो राविल्लो. ताच्या आंगार खाकी चड्डी आनी खाकी शर्ट आशिल्लो. पांयांत कांय नाशिल्लें. पावसापासत राखण करपाखातीर ताणें एक कंडो घेतिल्लो. ह्या चल्याक खंय तरी पळयिल्ल्याचो सत्याक भास जातालो.

मोहनदासान ताका जाप दिली, 'हें कितें होन्नेश, म्हाका सोदूंक आयला?'

'हय. नरसय्या बेंगळूरातल्यान आयल्यात. तुमी गांवांत आयल्यात अशें कळ्ळें. तुमचेकडेन तांगेलें अर्जंट काम आसा खंय. तुमगेले कारकून हॉस्टेलांत आयले आनी तांणीच म्हाका तांचेवांगडा वाट दाखोवपाखातीर धाडून दिलो.

नरसय्या मोटरसायकलीन आयले. गांवात पावतां पावतां पावस पडपाक सुरवात जाली. तुमगेल्या अम्मान सांगलें तुमी ह्या भाटांत आसतले म्हूण. ताका रोखडेंच वचपाक जाय. तेखातीर बेगीनूच तुमकां घेवन यो म्हूण म्हाका धाडून दिलो.'

हाका खंयतरी पळयलां अशें अजापीत जावन सत्यान म्हणलें, 'बाब, भितर यो. भायर कित्याक उबो रावला?'

'यो. भितर यो. कंडो दाराकडेन दवरून यो.' अशें म्हणत मोहनदास सत्याक म्हणपाक लागलो. 'हाका तुमी पळयलो ना दिसता. हो तुमकूरांतले हरिजन बोर्डींगात शिकता. आमगेल्याच गांवचो. मातंगम्मा म्हूण आसात, तांगेलो चलो.'

चल्याच्या चेहऱ्याचेर कांय विशेश प्रतिक्रिया दिसून आयल्यो नात. पूण सत्याचें तोंड मात आवासून तशेंच उरलें. आतां सत्याक याद जाली, तें धा-बारा वर्सांचें आसतना वेंकटेश सारको असोच दिसतालो. सत्याच्या आंगार कांटे आयले. तागेलें आंग शिरशिरलें. निमणी उंडी आशिल्लो तागेलो उजवो हात थरथरपाक लागलो. मोहनदासाच्या तें लक्षांत आयलें ना. 'एक सत्री आसा?' ताणें विचारलें.

'ना' अशें म्हणटना सत्याचो आवाज बशिल्लो.

'होन्नेश एक काम कर. हो कंडो हांव घेवन वतां. तूं हांगाच राव. पावस थांबतकूच यो.' अशें मोहनदासान म्हणलें.

'म्हाका तुमकूरांत वचपाक जाय. म्हाका फाल्यां शाळा चुकतली' होन्नेशान म्हणलें.

'नरसय्या आयजूच परते वतले जाल्यार हांव येवन तुका व्हरतां. ह्या पावसांत ते तरी कशे वतले मोटरसायकलीन? फाल्यां पयले बशीन गेल्यार लेगीत धा वरां म्हणल्यार थंय पावतलो. येतां हांव -' अशें म्हणून, ताटांत आशिल्लें शीत बेगबेगीन कुलेरान तोंडात घालून गिळपाक लागलो आनी सोंपतकीच कुलेर ताटांत दवरून पेल्यांतल्यान उदक पिवन तेंच उदक घेवन घोंट घेतलो. 'आमच्याच प्लॅनांतले इश्ट हे नरसय्या' अशें सत्याक सांगून, पँटाचे पांय दोडून वयर काडले आनी बुशशर्ट घालून, कंडो घालून, बूट थंयच दवरून पावसांतल्यानूच गेलो.

## 5

होन्नेशाचे पांय धोंपरामेरेन भिजिल्ले. उटंगराच्या पावसाक लागून कंडो पुरायेन राखण दिवंक पावंक नाशिल्ल्यान आंगावयलो शर्ट आनी खाकी पँट मात्शी भिजिल्ली. शिंयान तो कुडकुडटालो. बशिल्लेकडल्यान सत्या उठून कुडींत वचून दाव्या हातान एक तुवालो घेवन आयलें आनी ताच्यामुखार धरून म्हणलें, 'पांय पुसून घे.'

'कांय नाका' सत्याकडेन पळयनासतना होन्नेशान म्हणलें.

'शीं खाता. पुसून घे.' - अशें म्हणत सत्यान ताच्या खांद्यार तुवालो दवरलो आनी जेविल्लीं ताटां, पिल्ले पेले भायर हाडले आनी पोनेळांतल्यान व्हांवतल्या उदकान आयदनां धुवन घेतलीं. मागीर जेवण केल्ली जमीन धुली आनी पुसली.

होन्नेशान खांद्यावयल्या तुवाल्याक हात लायनासतना तो भाटांतल्या वंयेच्या दाराकडेन पळयत उबो रावलो. सत्यान विचारलें, 'तुमकूरांतल्यान कितल्या वरांचेर भायर सरिल्लो?'

तो कांयच उलयलो ना. सत्यान परतो तोच प्रस्न विचारलो. तेन्ना ताका पळयनासतना होन्नेशान सांगलें 'धा - सवायधा वरांचेर.'

'म्हणल्यार तूं जेवलो ना तर. रांदिल्लें आसा. चल यो जेवपाक वाडटां. उठ. हात धुवन यो.'

तो कांयच उलयलो ना. नाकाशिल्ले परिस्थितींत सांपडिल्लेवरी चेहरो करून तो पोनेळांतल्यान पडपी उदकाकडेन पळयत रावलो.

'जेव यो. वाडटां.' सत्यान परतें म्हणलें. होन्नेशान सट्‌करून ताचेकडेन वळून म्हणलें, 'उश्टें खावपाक हांव भिकारी न्हय.'

तागेले दोळे, भुंवयो, कपलावयल्यो आनी कानसुलावयल्यो फुगिल्ल्यो शिरो पळोवन आंगार धांवन येवपी बैलावरी दिसलो. सत्याक घुंवळ आयिल्लेवरी जालें. हो असो कित्याक उलयता? हें काय पानावयलें काडून दवरिल्लें उश्टें न्हय. ताटांत जाय तितलें वाडून घेतकूच उरिल्लें अन्न हें पळयल्यार कोणाकूय कळटलें. अशें सत्या विचार करता थंय आसा, ताणें खांद्यावयलो तुवालो काडून शेंदरेचेर उडयलो आनी सडसडीत भायर सरलो आनी दावेवटेनच्या बांदावयल्यान वचत रावलो आनी मागीर हरिजन कॉलनीच्या दिकेन वचपाक लागलो. सत्या काचाबूल जालें. कांयच कळ्ळें ना. मुखार आशिल्ले कुडींत वचून जनेल उक्तें करून पळयलें. उटंगराच्या पावसांतल्यान तो

भिजत वतालो. उलो मारल्यार ह्या पावसांत आयकूंक येवचें ना आनी आयकूंक आयल्यार लेगीत तो परतो येवचो ना असो विचार करून सत्यान ताका उलो मारलो ना. दोन मिणटांतूच तो दिसना जालो.

अप्पा मरतकूच, मातंगीक आपोवन तिगेले पयशे दितकूच तिगेल्या चल्याक एकफावट पळोवचे अशी सत्याच्या मनांत इत्सा जागृत जाताली. तुमकूरांत शिकता, ताका स्कॉलरशीप मेळटा इतलेंच सत्याक ताचेविशीं खबर आशिल्लें. त्या दिसासावन सत्यान मातंगीक पळोवंक नाशिल्ली. वट्ट पांच-स फावटी बेट्टय्यागेर गेल्लें. तेन्ना लेगीत मातंगीची भेट जाली ना. तिगेलें घर बेट्टय्यांच्या घराच्या वळींत निमाणें खंयतरी आसा अशें आयकल्लें. शेत, भाट हातूंत मन रमिल्ल्यान सत्याचो गांवांतल्या हेर लोकांवांगडा कसलोच संपर्क उरूंक नाशिल्लो. सत्या स्वता शेतांत काम करपाक सुरू करत सावन तागेल्या मनांत मातंगीविशीं आपुलकी उरूंक नाशिल्ली. तिगेल्या चल्याचीय केन्नाच याद जाली ना. पूण तो अकस्मात हांगा आयलो इतलेंच न्हय, तर विनाकारण राग, तिरस्कार दाखोवन असल्या पावसांत एक सत्री, कांबळ कांयच नासतना धांवन गेलो. गेल्यार वचूं अशें मनाक समजावन ताणें वाऱ्यान पावसाची वावझड येताली म्हूण जनेलाचें दार रोखडेंच बंद केलें. आनी उरिल्लें अन्न सांजवेळाखातीर काडून दवरून मान्न्यांत बसून सत्या तीं आयदनां घासूंक लागलें. कितलोय येत्न केल्यार लेगीत होन्नेशाचो विचार मनांतल्यान काडून उडोवपाक जालो ना. ल्हान चली आसतना आपणे वेंकटेशाक पळयिल्ली यादूच परती परती मनांत येताली. वेंकटेश होन्नेशापरस गोरो आशिल्लो. हाचो रंग आपलेवरीच आसा. ताच्या मनांत इतलो द्रेश, तिरस्कार कित्याखातीर? 'उश्टें खावपाक आमी भिकारी न्हय' म्हणलें. खुबिल्ल्या बैलावरी तोंड आनी दोळे केले.

सत्याचें आयदनां घांसपाचें काम सोंपलें तेन्ना भायर पावसाचो नेट कमी जाल्लो. मागीर सुमार अर्द वरान सामको थांबलो. एक सत्री विकती हाडपाक जाय अशें म्हणटना, अकस्मात ताका कंड्याची याद जाली. मेंढरां राखपी, शिकारी, रयत तो घालून काम करतात तें सत्यान पळयिल्लें. पूण ताणें एकूय फावट वापरूंक नाशिल्लो. वजनाक सामको हलको. सत्रेपरस चड उपेगी. धोंपरामेरेन येता. जणू काय खोंपूच माथ्यार उखलून घेवन गेल्लेवरी दिसता. खंय मेळटा? असो विचार करीत तें घराभायर आयलें. बांदाचेर चडून ताणें भोंवतणीं पळयलें. भोंवतणच्या शेतांत बांदामेरेन उदक तुंबिल्लें. असलो पावस सत्यान सामकें ल्हान आसतना पळयिल्लो. फाटले स पावसाळे तें म्हैसूरांतूच आशिल्लें.

एक पावसाळो बेंगळूरांत गेलो. पोरूं असो उटंगाराचो पावस पडूंक नाशिल्लो. वंयेकडेन येवन तें व्हाळाकडलें शेत पळोवपाक लागलें. कुंडग्या-कुंडग्यांनी आशिल्ल्या शेतांत उदक तुंबिल्लें. थंयचे कितलेतरी बांद व्हांवन गेल्ले. आपणे नव्यान घाल्ल्या कवाथ्यांची ताका याद जाली. भितर वळून ताणें त्या कवाथ्यांचे निरिक्षण केलें. सुदैवान कवाथे व्हांवन गेले नात. कोमरी तुटली ना. पूण व्हाळाचे कुशीक आशिल्ल्या कवाथ्यांकडेन पावसाचें उदक तुंबिल्लें. कवाथे तशेच दवरल्यार कुसपाची शक्यताय आशिल्ली. तें फाटले वटेन आशिल्ले कुडींत गेलें आनी खोरें घेवन भायर आयलें. साडी धोंपरामेरेन घट्ट बांदली, पदर कमराक घट्ट खोयलो आनी खोऱ्यान कवाथ्याच्या भोंवतणी भरिल्ल्या उदकाक वाट दिवंक लागलें.

सगळ्या कवाथ्यांक वाट करून दिवन, सारकें उदक भायर सरून वता काय कितें हाचें निरीक्षण करतालें इतल्यांत मोहनदास थंय आयलो. आतां तो लुंगी न्हेसून आयिल्लो. पांयात व्हाणो नाशिल्ल्यो. हातांत सत्री आशिल्ली. ताचे-फाटोफाट आनीक कोणतरी आशिल्लो. सुमार ताच्याच वयाचो. टेरिलीनाचो शर्ट घाल्लो आनी पँट दोडिल्ली. पांयातले बूट चिखलान माखिल्ले. मोहनदासान म्हणलें, 'ताका परतें वचपाक जाय. मोटरसायकली म्हऱ्यांत होन्नेशाक दवरून आमी हांगा आयल्यात. तुमकां मेळपाक जाय. चिखलांतल्यान वचपाक पडल्यार पडूं, कांय हरकत ना अशे ताणें म्हणलें. नरसय्या हाचें नांव. आमगेल्या संघाचे वांगडी.'

'पुस्तक सामकें पयल्या दर्जाचें बरयलां. आमचे पुराय कम्युनिटीन तुमचेकडेन ग्रेटफूल रावंक जाय.' अशें म्हूण नरसय्यान हात जोडून नमस्कार केलो. परस्पर अभिवादन जातकूच सत्यान तांकां भितर आपयले.

'नाका, तुमकूरांत वचून म्हाका मुखार बेंगळूरांत वचपाक जाय. मागीर केन्नाय फावट मारतां. आतां आमी सगळे एकूच न्हय?' म्हणत परतो हात जोडून ताणें सत्याचो निरोप घेतलो. 'हाका रस्त्यामेरेन पावोवन येतां. म्हजे बूट हांगाच आसात.' अशें सांगून मोहनदास ताचेवांगडा गेलो.

अर्द वरान परतो आयलो तेन्ना सत्या घरांतूच आशिल्लें. 'सकाळीं तुमी कुराड हातांत घेतिल्ली, आतां खोरें हातांत आशिल्लें. अजून कोयती हातांत घेतिल्ली पळयली ना' अशें म्हणत दारांतूच उबो रावन मोहनदासान म्हणलें. 'एक तांबयो उदक दियात. पांयांचो रेबो धुवन येतां.' पांय एका फातराचेर घांसून घांसून निवळ धुवन, सत्यान दिल्ल्या तुवाल्यान पांय पुसून भितर आयलो. आनी थंय एके शेंदरेचेर येवन बसलो. मोहनदासाच्या हातांतल्यान

तुवालो घेतना सत्याक होन्नेशाची याद जाली. ताणें विचारलें, 'होन्नेश हें नांव कोणे दवरलें?'

'तागेल्या बापायन होन्नूर नांव दवरिल्लें. तागेलो बापूय म्हणल्यार...'

' थोमणो नाका. मुखार सांगात.' सत्यान म्हणलें

'थोमणो न्हय. याद जाली म्हूण सांगलें. तुमकूरांतल्यान ए.के. बोर्डींगात वतकूच ताणेंच होन्नेश अशें बदलून घेतलें.'

'हुशार आसा. पूण रागीट आनी मस्त आसा. तुमी वतकूच कितें जालें तें खबर आसा?' अशें म्हणून सत्यान ताणें म्हणिल्ली उतरां आनी पावसांतल्यान सडसडीत गेल्लो त्या सगळ्याचें विवरण करून सांगलें. आनी मागीर विचारलें, 'आमगेल्या अप्पाविशीं ताका कितेंय खबर आसा?'

'सगळ्या गांवांकूच खबर आसा. म्हणल्यार ताकाय एकाद्री खबर आसतली.'

सत्या अंतर्मुख जालें. ताका सगळी गजाल खबर आसा जाल्यार ताच्या मनांत अशी तिरस्काराची भावना येवप साहजिकूच आसा. पूण असो समज, असलीं उतरां, इतल्या ल्हान वयांत कळप शक्य आसा व्हय? शंबर टक्के अशक्य नासलें तरी सामान्यतायेन शक्य ना अशें येवजून सत्यान मोहनदासाक विचारलें, 'तुमचेकडेन केन्नाय हाचेविशीं उलयला?'

'ना. हांव तरी कित्याक तो विशय काडूं?'

सत्या मुखार कांयच उलयलें ना. कॉफी करपाखातीर रांदचे कुडींत गेलें. मोहनदासान विचारलें, 'नरसय्या कित्याक आयिल्लो खबर आसा?'

'तुमी सांगल्यारूच कळटलें.'

'पुस्तकाचीं बत्तीस पानां कंपोज जाल्यांत खंय. कितल्यो प्रती काडच्यो हाचेर आपापसांत तांची चर्चा जाली. निमाणें म्हाका विचारपाखातीर म्हूण तो आयिल्लो. वीस हजार प्रती काडपाच्यो थारायल्यो. विकत्यो न्हय. आमचे जातींतल्या जण एकल्या बुदवंत मनशाक, हायस्कुलांत, कॉलेजींत शिकतल्या जणएका विद्यार्थ्याक एकेक प्रत. आमगेल्या हॉस्टेलांत दोन-दोन कॉपी दिवपाच्यो थारायल्यो. ह्याच विशयाचेर भाशण दिवपाखातीर हांवें आमच्या गांवात सभा भरोवन लॅक्चर टूर करपाक जाय अशें तांणी थारायलां. कित्याक म्हणल्यार हांव भाशण बेसबरें करतां.'

'म्हणल्यार मुखार एम.एल.ए. वा मंत्री जावपाचो विचार आसा काय कितें?' जळट्या उज्यांत एक लाकडाचो कुडको घालीत सत्यान विचारलें.

‘मंत्री जावप मुखेल काम न्हय. एम.एल.ए. मात जावंक जाय. आमगेल्या अप्पासारकेल्यांनी आमच्या लोकांचें प्रतिनिधित्व करपाक जायना. आमच्या सारकेल्यांच्या हातांत प्रतिनिधित्व आयलें जाल्यार तुमगेल्या मेलगिरीगौडाक हालोवन उडयतले.’

‘आमगेले मेलगिरीगौडा अशें कित्याक म्हणटात?’

‘तुमी तांची सून जावचीं नात तर? जातली म्हूण आयकल्लें हांवें. आमगेले वसतेंत आनी गांवांत हीच चर्चा, उलोवणीं चलतात. आतां तुमी आमचेर विस्वास दवरला. अर्थात, तुमचे जातीचो दोश तुमकां खबर आसा. पूण तांगेली सून जातकूच ‘आमकां एक पुस्तक बरोवन दियात’ म्हूण हांव तुमचेकडेन येवंक शकचों ना न्ही?’

सत्या कांयच उलयलें ना. पितळेच्या ल्हान तोपांत घालून दवरिल्ल्या काफयेच्या पिठ्यांत शिजयिल्लें उदक घालून ताचेर धापणें घालें. उदक तापयिल्ल्या हून आयदनांत दूद घालून परतें रांदनीर तापोवपाक दवरलें.

‘कित्याक ओग्गी आसात?’ मोहनदासान विचारलें.

‘तें केन्नाच शक्य जावचें ना अशें तांकां सांगून धाडलां.’

‘खरें?’ मोहनदासान म्हणलें.

‘अशें कित्याक विचारतात?’ मोहनदासाकडेन पळयत सत्यान विचारलें.

अजापीत जाल्ल्यान तोंड उक्तें केल्लें तें तशेंच उक्तें दवरून तो बशिल्लो. सत्यान कॉफी हाडली. दोन ग्लासांत ओतली. एक ग्लास मोहनदासामुखार दवरलो आनी एक ग्लास हातांत घेवन येवन मुखार बसतकीच मोहनदासान विचारलें, ‘तशें जाल्यार तुमचो फुडलो प्लॅन कितें?’

‘कांय ना. स्वताचीं शेतां-भाटांची कामां करपाचीं. केन्नाय एक फावटी म्हैसूर वा तुमकूरांतल्यान पुस्तकां हाडून वाचपाचीं.’

‘तेच बराबर तुमी आमगेल्या संघांत येयात.’

‘म्हणल्यार?’

‘क्रांती!’

‘तुमचो दिश्टीकोण अजून म्हाका कळ्ळो ना. म्हाका योग्य दिसता त्या मार्गान, म्हाका जियेवपाक मेळ्ळयार पुरो.’

मात्सोवेळ रावन मोहनदास थंयच्यान गेलो. सत्यान याद करून सांगलें, ‘म्हाका दोन कंडे जाय. कोणाकूय हाडपाक सांगात. कितलेय पयशे सांगल्यार दितां.’

'आमगेले वसतेंत कितलेतरी जाण विणटात. ल्हान आसतना हांवूय विण्टालों. धाडून दितां.' अशें म्हणत ताणें लुंगी धोंपरामेरेन गुठलायली, दाव्या हातांत बूट, कवळिल्ली सत्री उजव्या हातांत धरून, वंयेचे गेटींतल्यान भायर सरून बांदावयल्यान वसतेकडेन गेलो.



# पंदरा

## 1

सत्याविशीं श्रीनिवासाच्या मनांत कोडसाण निर्माण जाली. ताचें फाटलें खरें कारण सोदिनासतना तागेलें मन खंयतरी हेडत आशिल्लें. आपणें लग्न जावपाचे दीस फाटीं पडले. मोग, माया, संवसार, घोव हाचेविशीं आपल्या मनांत कांयच आकर्शण उरलें ना अशें सत्या सांगतालें. म्हजेकडेन लग्न जावपाचें तें मोडतसावन जिवितांतल्या घडणुकांनी ताचें जिवितूच बदलून उडयलां. आतां तागेल्या जिवितांत घडटात त्यो घडणुको नवो प्रपंच दाखयता खंय. ताचेमुखार मोग, माया ह्यो भावना सामक्यो ल्हान आसात खंय. वयल्यान म्हाका म्हणपाक लागलें, 'तुका बायल भुरगीं संवसार जाय जाल्यार, तूं लग्न कर' म्हणल्यार आदर्शाचे बाबतींत तूं म्हजी बराबरी करूंक शकचो ना अशेंच ताका म्हणपाचें आशिल्लें? ह्या विचारासरशीं ताका राग आयलो. पूण तें कोणाक कमी लेखपी न्हय. म्हाका हीन लेखपाचो ताचो उद्देश नाशिल्लो. म्हाका तशें कशें म्हणटलें तें.' अशें म्हणून श्रीनिवासान आपलेंच समाधान करून घेतलें.

पयलींसावन सत्याचो सभावूच असो. खंयचोय एक आदर्श मनाक पटलो जाल्यार तेप्रमाण तें वागूंक लागता. कोण कितें म्हणटलो हाची ताका मुरवत दिसना. म्हजेकडेन लग्न जावपाचो निश्चेव करतकीच मात लेगीत फाटींफुडें सरनासतना ताणें अप्पाक पत्र बरयिल्लें. आतां लेगीत कोणाक भियेनासतना मांगांच्या भुरग्यांक आपल्या भाटांतल्या घरांत घेता. तांकां रांदचे कुडींत घेता. तांचे मजतीन रांदप करून तांचे वांगडा जेवता. तांचे जातीखातीर ताणें पुस्तक लेगीत बरयलां.

श्रीनिवासाक आपले कॉलेजीतले दीस याद जाताले. त्यावेळार हांवूय तसोच आशिल्लों. सगळ्यांक सारकेच मानपाक जाय, असलीं सपनां पळोवपाक सत्यापरस मात लेगीत फाटीं नाशिल्लों. हरिजनांनी आफुडिल्लें अन्न खावपाक सत्यान हालिंसरा सुरवात केल्या आसतली पूण हांव कॉलेजींत आसतनाच एका हरिजन वर्ग इश्टावांगडा तागेल्या हॉस्टेलांत जेवन आयिल्लों. जेन्ना सत्याक

ही गजाल सांगली तेन्ना ताणें विचारिलें, 'म्हणल्यार हातुंतल्यान तुवें कितें सादयलें?'

'कितें सादयलें म्हणल्यार? जातीभेद सोडिल्ल्याची ही खूण न्हय?'

'फकत जेवल्यार जातीभेद नश्ट जाता? इंग्लंडाक गेल्लीं मनशां गरजेचो भाग म्हूण थंयच्या किरिस्तांवाच्या घरांत जेवतात. थंयच्या हॉटेलांत जेवतात. म्हूण ह्या दोगांमदलो जातीभेद ना जातलो?'

'तशें जाल्यार तूं कितें करपाक जाय म्हणटा?'

'ते जातीकडेन लग्न जावपाक जाय' अशें म्हूण तें हांशिल्लें.

तीं उबीं रावन उलयतालीं इतल्यांत थंय आनीक कोणतरी आयलो आनी हो विशय मुखार व्हरपाक मेळ्ळो ना. ताचे उपरांत ताचो विसरूच पडलो. आतां तें मीराकडेन लग्न जा म्हूण म्हाका सांगतकीच तीं उतरां आतां ताका परतीं याद जावपाक लागलीं.

कितलेतरी फावटी श्रीनिवासाचें मन सत्याविशींच्या रागान भरतालें. 'आपलेभितर आतां मोग-माया ना खंय.' बायलमनशेचो गुणच ताणें शेणोवन उडयला. 'म्हगलो हात कितलो खरखरीत पळय, तुगेलो हात मोव आसा' हीं उतरां म्हाका हिणसावंक तर न्हय? असली बायलमनीस म्हजी बायल जावपाचे लायकीची ना. सत्यान सांगिल्लें तेंच खरें. लग्न जातकूच तागेलो निरस सभाव असोच उरलो जाल्यार जिवितांत तडफडत रावचें पडटलें आशिल्लें - अशें येवजून ताणें आपल्या मनाक समजायलें.

ह्या विचारां फाटोफाट ताका कुमुदिनीची याद जाली. तिगेले तळवे कितले मोव! तिगेले हात वालीभशेन नाजूक आशिल्ले. बायलमनीस आसची तर अशी. तिगेले कुडीची रचणूक चड बारीक आशिल्ली. मात्शी मोठी आसपाक जाय आशिल्ली. हें एकूच सोडलें जाल्यार तिगेल्या गूण- सभावामुखार खंयचीय बायलमनीस बरोबरी करपाक शकची ना. ती इतले बेगीन सोडून गेली हेंच म्हजें दुर्दैव. गेल्ले वस्तूविशीं दुख्ख प्रगटावन कितें मेळपाचें आसा? असली कोण मेळटा जाल्यार पळोवपाची. तशेंच केल्यार बरें अशें म्हूण आपलेंच समाधान करपाचो येत्न करपाक लागलो.

जाल्यार परती असली कोण मेळटली? सत्यान हयकार दिल्लो जाल्यार चड विचार करपाची गरज नाशिल्ली. पूण तें म्हणल्यार एक तिरजटा अशें म्हूण श्रीनिवासाचे मनांत सत्याविशीं तिडक उसळ्ळी.

हे परतेपरते येवपी विचार मनांतलो उद्वेग वाडयताले. ते सहन जायनाशिल्ल्यान तो एकफावट सिनेमाक गेलो. खंयचेतरी दर्यावेळेवयलें दृश्य.

नायक आनी नायिका धोंपरामेरेन येवन आपटुपी फेसाळ ल्हारांकडेन पळोवन हांसतालीं. निलगिरीच्या रानांत भोंवताली. हें सगळें फट अशें श्रीनिवासाक दिसलें. मन परतें विचारांत गुंतलें. फिल्म चलत आशिल्लें. पूण तें पळोवन तातूंत मग्न जावपाची शक्त ताचेपुरती तरी नाजावन गेल्ली. अशें कित्याक जावप? रूमांत येवन न्हिदतकूच ताका येवजलें. सत्यान सिनेमा आनी बियरीचेर वायट शब्द उलोवन दाखयिल्ल्यान अशें जाता आसतलें. सत्याचो मनोधर्म म्हज्या मनांत वाडटा अशें दिसता. म्हणल्यार म्हजें पुराय जिवीत बेजारसाणेन वतलें? जशें तें भाटांत जिवीत सारता तशेंच हांवें म्हजें जिवीत सारपाचें? ह्या विचारांसरशीं ताका सगळें असह्य जालें.

बियर तरी पिवची असो विचार श्रीनिवासाच्या मनांत आयलो. पूण आपले संकल्पशक्तीचो सोपूत घेतिल्ल्याची याद जाली. हो बेजार कसो ना करपाचो? ह्या प्रश्नाची जाप मेळनाशिल्ल्यान प्रश्नाची तीव्रता चडूच वाडटाली. हाचेर उपाय कितें?

एक दीस श्रीनिवासाक हाचेर उपाय येवजलो. आपणें लग्न जावपाक जाय. सत्यान सांगिल्लें तेंच खरें. म्हाका लग्न, बायल, भुरगीं, मोग सगळें जाय. इतले दीस इतलो विचार करून इतले तळमळे काडून जें येवजलें, तें सत्यान आदींच सांगिल्लें. म्हाका कितें जाय हें म्हजेपरस सत्याकूच चड खबर आसा अशें जालें ना! ह्या विचारान तो अजापीत जालो. सत्याची तोखणाय दिसली.

पूण सत्यान न्हयकार दितकूच लग्न कोणाकडेन जावपाचें? असो प्रस्न उप्रासलो. मीराकडेन लग्न जा अशें सत्यानूच सांगिल्लें हाची जाप फाटोफाट मेळ्ळी. पूण सत्यान सांगलें म्हूण ताचेकडेनूच कित्याक लग्न जावपाक जाय, आनीक कोण मेळची ना काय कितें? कुमुदिनीभशेन! असो उरफाटो विचारूय श्रीनिवासाच्या मनांत आयलो.

## 2

त्यावेळार उटंगगाचो मीर्गाचो पावस पडिल्ल्यान तळें तुडुंब भरिल्लें. तळें भरून वयलें उदक व्हांवन वचपाखातीर आशिल्ले वाटेंतल्यान व्हांवपी उदकाचो आवाज तीन दीस आनी तीन रातीं सत्याक आयकूंक येतालो.

एक दीस सत्याच्या नांवार एक पत्र आयलें. त्या लखाट्याचेर बरयिल्लें, टी. वी. सत्यभामम्मा, भाटांतलें घर, तिरुमलापूर. ठळक अक्षर पळोवनूच मीराचें म्हूण कळ्ळें. आपलो अभ्यास, आपलें हॉस्टेल, कॉलेजींविशीं पयल्या

पॅराग्राफांत च्यार वाक्यां बरयतकीच मुखार बरयिल्लें, 'मेलगिरीगौडांचो चलो श्रीनिवास आमगेल्या हॉस्टेलांत येता. तुमच्या भाटांतल्या घरांत आमी तिगांय जेविल्लीं त्या दिसा सावन सुमार वीस दिसांनीं ते पयले फावट हॉस्टेलांत आयले. हॉस्टेलांतल्या व्हिजिटर्स रुमांत बसून उपचारीक खबरो मारून जातकूच तांणी कॉफी पिवपाक यो म्हूण आग्रो केलो. उपरांत चार दिसांनी परते आयले आनी आग्रो करून आपले गाडयेंत बसोवन लालबागेंत घेवन वचून बसून उलयले. तांणी बसून तुमगेले दोगांयचे पयले संबंद, मागीर लग्न मोडलें ताचेविशीं आनी पयर तुमी तांकां जें सांगलें ताचेविशीं ते सगळें उलयले. तुमी म्हजेविशीं कितेंतरी सांगलें खंय. तें श्रीनिवासानीं सांगतकूच हांवें सकयल घाल्ली मान वयरूच काडली ना. तुमी अशें कित्याक सांगलें तांकां? चार दिसांनी ते परते आयले. परतो परतो जर एक दादलो मनीस येवन आपोवपाक लागलो, हांव ताचें वांगडा उलोवपाक लागलें, वा ताचेवांगडा भोंवपाक भायर वचपाक लागलें. जाल्यार हॉस्टेलांतल्यो हेर चलयो म्हाका कितें म्हणटल्यो? हांवें 'म्हाका विंगड काम आसा. सॉरी' म्हणलें, तरीलेगीत आग्रो केलो. म्हाका लालबागेंत घेवन गेले आनी थंय बसतकूच म्हणपाक लागले, 'मीरा, सत्यान सांगलां तेंच खरें. तूंच म्हाका योग्य आसा. तुगेलें रूप, तुगेलो सभाव, तुगेले गूण म्हजेकडेन जुळटात. हांव जातीक भियेना. कोणेय विरोध केल्यार लेगीत हांव फाटीं सरचो ना. तूं म्हजो सांगात सोडनाका.' अशें म्हूण तांणी म्हजो उजवो हात धरलो. तांगेल्या हातांतलो हात काडून घेवन हांव परतें आयलें. ते बागेंत चड मनशां नाशिल्लीं. पूण कोणूच नाशिल्लो अशेंय न्हय. ते म्हजे फाटोफाट आयले आनी परतो हात धरलो आनी म्हणलें. 'तूं म्हाका सोडून गेल्यार हांव जितो रावचो ना. तुज्या हातान म्हाका वीख दी आनी उपरांत हांगाच्यान वच.'

'हे घडणुकेक चार दीस जाले. म्हजें जेवणा-खाणावयलें लक्षच गेलां. न्हीद लागना. अभ्यासांत लक्ष लागना. शिक्षण सोडून गांवांत येवपाचो विचार करतां. तुमीच म्हाका कितें करपाचें तें सांगात. तुमी तांचेकडेन असलीं उलोवणीं कित्याक केलीं?'

पत्र वाचून जातकूच सत्या गंभीर जालें. तें एकतरेच्या संकटात सापडलें. श्रीनिवासान अशें केलें, पूण ताचे तकलेंत हो विचार घाल्लो तो हांवें, हाची ताका याद जाली. हांवें कित्याक तशें सांगलें, अशें येवजुपाचो येत्न करूंक लागलें. ताका बरी बायल मेळची असो एकूच उद्देश आशिल्लो हें खरें. पूण मीराबगर विंगड कोणूच चली नाशिल्ली काय कितें? 'हांव तुजेकडेन लग्न जावंक

शकना इतलेंच सांगून ओग्गी रावपाचें. मुखावयली जापसालदारकी आंगार घालून घेवपाची गरजूच नाशिल्ली.' अशें सत्याक दिसलें. पूण दुसऱ्या दिसा वेगळोच विचार सत्याच्या मनांत आयलो. दोगांय तयार आसात जाल्यार हें लग्न जावंदी. मीराले आवय-बापूय आनी भाव एकाद्रे लग्नाक मान्यताय दितले. पूण मंत्री आनी तागेलो बापूय मान्यताय दीत? निखालस दिवचे नात.

धा वरांचे बशीन सत्या तुमकूरांत वचपाक भायर सरलें. बस दनपरां देड वरांचेर तुमकूरांत पावली. ऑफिसाचे भितरलेवटेन श्रीनिवास रावता हें सत्याक खबर आशिल्लें. तो निकतोच जेवन येवन रुमार खाटीचेर आड पडिल्लो. अकस्मात सत्याक आयिल्लें पळोवन श्रीनिवास उमेदीत जालो, गडबडलो आनी उठून बसलो. सत्यान म्हणलें, 'म्हाका दिशिल्लें तुजी भेट जाता काय कोण जाणा.'

'इतलें कसलें ताकतिकेचें काम आशिल्लें?'

'ताकतिकेचें न्हय, तुका मेळून येवचेंशें दिसलें.'

कांय खीण तो अविस्वासान सत्याकडेन पळोवंक लागलो, 'खरेंच तुका म्हाका मेळचेशें दिसलें?'

'कित्याक? तशें दिसूंक जायना? म्हाका तुगेल्या सुख-दुख्खाविशीं जाणून घेवपाची इत्सा आसा. हें पळय' - अशें म्हणून मीराचें पत्र काडून श्रीनिवासाच्या हातांत दवरलें. तें वाचतां वाचतां ताचे चेहऱ्याचेर संकोच, आनी दुबावाचे भाव उदेताले. पत्र पुराय वाचमेरेन तें ओग्गी रावलें आनी उपरांत म्हणलें, 'म्हाका हाची मनांतल्यान उमेद जाल्या. मीराचीय संमती आसा हें पत्रावयल्यान स्पश्ट दिसून येता...'

'तक्रार करून बरयलां मीरान. तागेली संमती आसा अशें कशें दिसलें तुका?' - तो मर्दीच उलयलो.

'पत्र सारकें वाचल्यार लक्षांत येता.'

तो मान सकयल घालून ओग्गी बशिल्लो. सत्यान मीराचें नांव सुचयिल्लें खरें पूण आपणे इतले बेगीन मीराक मागणी घाली आनी ती बातमी इतले बेगीन सत्याक कळ्ळी - तेखातीर श्रीनिवासाक कितेंतरी चुकिल्लेवरी दिसूंक लागलें. ताचेकडेन लक्ष दिनासतना सत्यान म्हणलें, 'हांव तुगेल्या बापायक दोश दितां अशें समजूंनाका. हांव ब्राह्मण आसून लेगीत म्हजेकडेन लग्न जावपाक तांणी विरोध केल्लो. आतां हरिजनाची चली करपाक ते निखालस मान्यताय दिवचे नात. म्हजो आनी तुजो विशय विंगड. आमच्या दोगांयच्या मनांतूय तें आशिल्लें. तें लग्न मोडटकूच म्हाका लग्नाची इत्साच उरली ना. जर तशी इत्सा मनांत

आशिल्ली जाल्यार कितलो त्रास जातलो आशिल्लो खबर आसा? अशेंच रावन जिवीत सारपाची म्हाका उमेद आसा. आतां तुवें मीराक मागणी घाली. पूण तें तुजेबरोबर उमेदीन मुखार सरलें ना. हें प्रकरण आनीक मुखार वतकूच तुगेल्या बापायन सांगलें म्हूण तूं फाटीं सरल्यार ताच्या आयुश्याची वाट लागतली. पयलीं तूं तुगेल्या धिटायेची परिक्षा घे.'

सत्यामुखार बसून दुसऱ्या कोणाकडेन लग्न जावपाच्या विशयाचेर उलोवपाक श्रीनिवासाक मुरवत कशी दिसताली. सत्यान मुखार म्हणलें, 'तूं स्पश्ट शब्दांत जें कितें सांगपाचें आसा तें सांग. तुवें हयकार दिल्यार हांव हांगाच्यान बेंगळूरांत वचून ताका मेळटां आनी ताचेकडेन ह्या विशयाचेर उलयतां.'

'त्या दिसा तुवें म्हणिल्लें न्हय, संकल्पशक्तिचेर म्हजो विस्वास आसा.'

'तशें जाल्यार बरें आसा. तूं लेगीत एक मनीस जातलो. श्रीनिवास, अशें आसा जाल्यार हांव तुजो आदर करतां. आदर आसले बगर इश्टागत आसप शक्यूच ना.' अशें ताका शिटकावन सांगलें.

सत्याक भूक लागिल्ली. ताणेंच उलोवणें बदल्लें आनी म्हणलें, 'लागसार एकाद्रें हॉटेल आसा? हांव जेवंक ना.'

'अशें? म्हजें हाचेर लक्षूच गेलें ना.' अशें म्हणत श्रीनिवास उठलो.

'लक्ष सगळें मीराकडेन आसतकूच दुसरेकडेन कशें वतलें?' अशें म्हणून सत्या हांसलें. ताकाय लज कशी जाली.

जेवण जातकूच तें बेंगळूराक वचपाक भायर सरलें. मोटारीन पावयतां असो श्रीनिवासान आग्रो केल्यार लेगीत सत्यान न्हयकार दिलो आनी म्हणलें 'बस आसा. पुरो म्हाका.' मागीर ताणें बसस्टॅंडामेरेन येवन ताका बशींत बसयलें. मीराचे रुमाचो नंबर आनी जागो लेगीत श्रीनिवासान सांगलो.

सत्या साडेपांचांक बेंगळूरात पावलें आनी रिक्शेंत बसून हॉस्टेलांत गेलें. तेन्ना मीरा आपले कुडींत आशिल्लें. मीरान विणी घालून मोगरेचीं फुलां माळिल्लीं. आनी जरीची देग आशिल्ली मळबा रंगाची निळी साडी न्हेशिल्लें. सत्याक पळोवन ताका अजाप दिसलें आनी उमेदूय जाली.

'तुगेलें पत्र मेळ्ळें.' सत्यान म्हणलें. मीराचो चेहरो गंभीर जालो. संकोचान मीरान आपलो चेहरो सत्याकडेन वळयलो ना. सत्यानूच मुखार म्हणलें, 'पळय, तुगेलें आनी तागेलें लग्न जाल्यार म्हाका खूब उमेद जातली. श्रीनिवासाचो सभाव बरो. पूण तूं एके गजालीचो विचार कर. तुगेले आवय-बापूय हाका मान्यताय दितले काय ना?'

मीराक उलोवपाक मुरवत कशी दिसताली. रातीक रावपाचो सत्याचो कसोय बेत आशिल्लो. तेखातीर आतां मीराचेर चेंपण हाडचेपरस मागीर उलोवपाक कांय हरकत ना असो विचार करून सत्या लेगीत ओगी रावलें. हॉस्टेलांत एका रुमांत दोगां चलयांक रावपाची वेवस्था आशिल्ली. पूण मीराची रूम-मेट गांवात गेल्ल्यान दोगांकूय उलोवपाक मेकळीक मेळ्ळी. रातीं जेवणा उपरांत सत्यान तोच प्रस्न विचारतकीच मीरान म्हणलें, 'अण्णा विरोध करतलो. पूण ताका पटोवन दिवपाक जातलें. पूण अप्पाजींची नदर वेगळी आनी विचार वेगळे. पयलींसावन जें चालीक लागलां तीच पद्धत मुखार चलूंदी, मुखावयली पिळगी कितें जाय तें करूं अशें तांचें मत.'

'जाय जाल्यार हांव तांकां पटोवन दितां. एक बरें काम आपणें करचेपरस जल्माक येवंक नाशिल्ले फुडले पिळगेचेर कित्याक घालपाक जाय? जें आमी करुंक शकले नात तें फुडले पिळगेंतलीं भुरगीं करतलीं हाची खात्री कोण दितलो? आमच्या मनांत जें आसा तें स्वता करून दाखोवपाची दृढताय आमचे भितर आसपाक जाय.'

मीरा ओग्गी राविल्लें. सत्यानूच मुखार म्हणलें, 'ह्या लग्नाक श्रीनिवासाच्या आवय-बापायकडल्यान खर विरोध जातलो. पूण हांव कित्याकूच भिवचो ना अशें श्रीनिवासान उतर दिलां. तुमी दोगांय सज्ञान आसात. कोणच्याय हयकाराची वाट पळयनासतना रजिस्टर्ड लग्न जावंक शकतात. तुमी आपआपल्या निर्णयाचेर ठामपणान उबीं रावल्यार हें लग्न कोणूच मोडूंक शकचो ना.'

रातीं न्हिदिल्लीं आसतना दोगांय जाती-पातीचेरूच विचार करून खबरो मारतालीं. सत्याक होन्नेशाची याद जाली. तो भाटांत येवन भर पावसांत भायर सरून गेल्लो आनी 'उश्टें खावपाक आमकां भीक लागली ना' हीं तागेलीं उतरां विस्तारान मीराक सांगलीं. सत्यान म्हणलें, 'इतले ल्हान पिरायेर ताच्या मनांत हो द्वेश आनी कोडसाण कशी वाडली? म्हाका कांयच कळना.'

मीरा दोन मिणटां उलयलें ना. सत्यान विचारलें, 'तुका हाचे फाटलें कारण खबर आसा?' त्या उतराक मीरान सावकासायेन म्हणलें, 'तुमी आमगेल्या अण्णाक केन्नाच सांगचींनात अशें उतर दिल्यार हांव तुमकां सांगतां.'

'ना सांगचें ना. तुजो सोपूत.'

'तुमच्या अप्पान जीव दिवचे पयलीं अण्णा तांचेवांगडा देवळाकडेन झगडिल्लो न्हय? ताचे उपरांत मातंगम्माविशीं सगळ्यांक कळ्ळें. पूण होन्नूर तुमगेल्या अप्पांचो चलो म्हूण कोणाक खबर नाशिल्ली. मातंगम्मान ही गजाल

आमचे आवयक सांगली. आमचे आवयच्या तोंडांत कांयच उरना. आपलो चलो म्हूण अण्णाक तिणें ही गजाल सांगली. होन्नूराक ताणेंच सांगलां.'

'अशें?' - सत्यान अजापीत जावन विचारलें. ताणें हो विशय मोहनदासामुखार काडिल्लो तेन्ना ताणें कानार केंस काडिल्ले. पूण ही गजाल सत्यान मीराक सांगली ना. गरज नासतना ताणें अशें कित्याक सांगलें? आपल्या जल्माची खरी गजाल कळटकूच दुख्ख, बेजारसाण जाताच. ह्या ल्हान भुरग्याच्या मनांत कित्याक हें वीख रूजोवंक जाय आशिल्लें?

'अण्णाचो अभिप्राय तुमकां पुराय खबरनासो दिसता. द्वेशाशिवाय क्रांती जावची ना हें तागेलें आवडटे तत्व. तेखातीर जंय बारीक उज्याची कीट दिसता थंय फूंक मारून अग्नी पेटोवपाचो अण्णा येत्न करीत आसता. आमगेले वसतेंतल्या कितल्यातरी जाणांक ताणें अशेंच सांगून तांचें वागणेंच बदलून उडयलां, तुमकां खबर आसा? हें कळटकीच होन्नूर वयले जातींतल्या लोकांक पळयल्यार तिडकता. आपल्या हॉस्टेलांतल्या हेर भुरग्यांच्या मनांत लेगीत द्वेशाची भावना रुजयता. आमगेले फुडले क्रांतीचो तूंच मुखेली म्हूण अण्णा ताका आनीक फुलयता.'

'हें मातंगीक खबर आसा?'

'मातंगीच्या मनांत लेगीत द्वेशाची भावना रुजोवपाचो खूब येत्न केलो. पूण ती पयलींच्या काळांतली. अजूनमेरेन तुमगेल्या अप्पांविशीं तिच्या मनांत श्रद्धा आसा. कितलेतरी फावटी ते आपलेखातीर मेले अशें म्हणून ती आमचे आवयक सांगून रडटा. आमगेल्या अण्णाक हेंवूय खबर आसा. अण्णा रोखडोच होन्नूराक सांगता. आपल्याले आवयन चोरून कोणाकडेन संबंद दवरले आनी गुरवार जाली आनी म्हाका जल्माक घालो. तांची याद काडून ती अजून रडटा. हें कळटकीच होन्नेशाक आनी तिडक मारता. आतां तो चडसो गांवांत येना. आयल्यार लेगीत आवयकडेन उलयना. सरकार स्कॉलरशीप दिताच न्हय. तो तुमकूरांतूच रावता.'

'मातंगीन चल्याखातीर पयशे करून दवरिल्ले आसतले?'

'तुमगेल्या बापायन मरचे पयलीं दोन हजार रुपये मातंगीक दवरिल्ले. तुमी तिका दिल्ले, ते तिणें घरांत दवरिल्ले. पुस्तक, कपडे आनी फीच्या निमतान तिचेकडल्यान काडून घेतले आनी ते पयशे हांगेल्या क्रांती फंडाखातीर दिले खंय.'

द्वेश आनी तिरस्कारान भरिल्ले होन्नेशाचे दोळे परते परते सत्याच्या दोळ्यांमुखार येताले. ताका मोहनदासाविशीं अजाप दिसपाक लागलें. ताणें

क्रांती विशींची आपली श्रद्धा केन्नाच धापूंक नाशिल्ली. पूण तेखातीर तो खंयचेय मार्ग आपणावपाक तयार आसा. आनी तें सादोवपाक तो उबो रावला. इतलेंच न्हय. आपणें इतलें करून, होन्नेशाक आपल्या बापायचो विशय खबर आसा काय म्हूण विचारल्यार 'गांवातले लोकांक खबर आसा, ताकाय खबर आसतली.' अशें आपल्याक कांयच खबरनाशिल्लेवरी करून सांगलें. 'तो हाचेविशीं तुमचेकडेन केन्नाय उलयला?' अशें परतें सत्यान विचारतकूच, 'ना, तें हांव ताका कित्याक सांगू?' अशें म्हूण फट उलयलो. सत्याच्या मनांत मोहनदासाविशीं एकेतरेचो आदर आशिल्लो. तो उर्मट आसा. तो उर्मट आसपा फाटल्यान एक कारणूय आसा. तीन-चार हजार वर्सांपयलींचो इतिहास. पूण त्या इतिहासाचो मनःपूर्वक आढावो घेवन, जाल्लो अन्याय आपणे मनासावन मान्य केलो. तितल्याचेर ओग्गी रावनासतना तितलेंच मनलावन त्या अन्यायाच्या निर्मूलनाखातीर काम करून दिलें. ताचेवांगडा आचार-विचार, खाणें- पिणें, ताणें जेविल्लें उश्टें काडटना, आयदनां धुतनां - खंयच वेगळेंपण दाखयलें ना. हांव अशें वागतना म्हजेकडेन फटींगपणा करतल्याक हांवें कशें आदरान पळोवपाचें? तोवूय अतिसामान्य मनीस. असल्या मनशाकडेन इतल्या विस्वासान वागलें हें म्हजेंच मूर्खपण जालें.

सकाळीं उठून सत्या वचपाक भायर सरलें तेन्ना मीरान 'एक दीस रावात.' म्हूण आग्रो केलो. बेंगळूरांत कांयच काम नाशिल्लें. गांवात शेताचीं कामां वाट पळयतालीं. तेखातीर तें थंयच्यान भायर सरलेंच.

बसस्टँडार पावोवपाक आयिल्ल्या मीरान म्हणलें, 'काल रातीं हांवें जें अण्णाविशीं सांगलें तें हांवें सागंलें म्हूण कोणाक सांगूनाकात. आनीक एक गजाल. काल हांवें म्हणिल्लें - ह्या लग्नाक अण्णा मान्यताय दितलो, पूण अप्पाजी तयार जावचे नात म्हूण. आतां म्हाका दिसता, अप्पाजींक पटोवन दिवपाक सोपें, पूण अण्णा तयार जावपाक कुस्तार. तो खंयचे बाबतींत कसो विचार करतलो हाचें चित्र काडपाक जायना. ताका तुमीच सांगात.'

'हांव कशें सांगूं?' सत्यान म्हणलें.

'तुमी सांगना जाल्यार आनीक कोण सांगतलो? तुमची इत्सा' अशें म्हूण तें ओग्गी रावलें.

सत्यान विचार केलो. 'तागेल्या दिश्टीकोनांतूच दोश आसा. तो काडून उडोवपाक जाय. ताचेकडेन उलयनासतना ओग्गी रावल्यार कांयच जावपाचें ना. हें लग्न जाल्यार तागेलो स्वभाव बदलूंक शकता.' सत्यान तुमकूरांत वचपाची बस धरली.

सकाळीं इकरा वरांचेर तें पावलें तेन्ना मोहनदास दुकानाचेर आशिल्लो. गल्ल्याकडेन बसून हिशोबाचें पुस्तक पळयतालो. ताणें उबो रावन सत्याचें स्वागत केलें. नोकराक कॉफी हाडपाक लावन ताका माळयेर घेवन गेलो. थंय बसतकूच सत्यान ताका श्रीनिवासाची सगळी खबर सांगली आनी म्हणलें, 'मीराबराबर लग्न जावपाचें ताच्या मनांत आसा. म्हजेकडेन ताणें उलोवन दाखयलां. तुमी ह्या लग्नाक मान्यताय दिल्यार बरें जातलें आशिल्लें.'

मोहनदासाचो चेहरो इंगळ्यावरी तांबडो जालो. ताणें म्हणलें, 'हीं उतरां तुमच्या तोंडांतल्यान भायर सरपाक जायनात.'

'कितें चुकलें?'

'तो कोण तो खबर आसा तुमकां? म्हज्या बापायन मिश्यो वाडयल्यो म्हूण बडयिल्लो तागेलो हो नातू. हांव तुमगेल्या हॉटेलांत गेलो म्हूण कांचेच्या ग्लासान ओंठ पिंजिल्लो तांगेल्याच जातींतलो हो. इतलीं शेकड्यानीं वर्सां आमगेल्या मनशांकडल्यान आपली शेतां कसून घेवपी हेच ते लोक. आतां आमकां इल्लेंशें नापीक शेत, चार घरां, सरकारी नोकरी, भुरग्यांक स्कॉलरशीप दिवन गुलाम करून दवरपी हागेलो बापूय. असले जातींत, असल्या मनशाक म्हजे भयणीक दिवं? आमी इतले कमी दर्जाचे?'

तागेली जाप अशीच आसतली हाची सत्याक अपेक्षा आशिल्लीच. तें एक मिनीट ओग्गी बसून रावलें आनी मागीर म्हणलें, 'अन्याय जाला हें सत. पूण हाचें निवारण करपाखातीर कितें करपाक जाय?'

'क्रांती. तोडफोड. ताका बरी बुद्द शिकोवपाक जाय.' अशें मोहनदासान म्हणलें.

'क्रांती कित्याखातीर? तांची बरोबरी करपाखातीरूच न्हय? एक जावप होच बरोबरी सादपाचो व्हडलो मार्ग न्हय? एक जावपाखातीर लग्नाशिवाय आनीक खंयचो मार्ग आसा? म्हूण हांव सांगता, तुमगेले क्रांतीखातीर फकत तुमचीं हॉस्टेल्स धरूनाकात. स्कूल, कॉलेज, हेर लोकांची हॉस्टेल्स सगळीं धरात. लग्नाचो विचार जाण्ट्या लोकांचेर सोंपोवनाकात. तुमकां आवडटा ते व्यक्तीकडेन, बरोबर शिकिल्ल्याकडेन, सहकर्मचारी तुमीच पसंत करात आनी लग्न जायात. जात पळोवंनाकात असो प्रचार सुरू करात. येता त्या वीस-तीस वर्सांत शंबरांत धावो वांटो अशीं लग्नां जावपाक लागलीं जाल्यार जातीवाद ना जातलो. आतां श्रीनिवास कसो असल्या लग्नाखातीर तयार जाला. मोन्यांनी मान्यताय दियात.'

मोहनदास एक मिनीट निरुत्तर जालो. पूण मागीर ताणें जाप दिली. 'दिवप घेवप म्हणल्यार कितें? सकयल्या जातींतल्या चलयांक वयल्या जातींतले व्हरताले. हें पयलींसावन आशिल्लें. पूण सकयले जातीक चली दिनाशिल्ले. आतां श्रीनिवासगौडा आमगेले चलयेकडेन लग्न जावंक शकता. पूण आमकां ते चली दितले?'

'तागेल्या घरांत चलीच ना तुमकां दिवपाक! आशिल्ली जाल्यार आमी तशें उतर घालपाक जाताले.'

'हांव म्हणटां वयल्या जातींतले लोक, आपली च़ली सकयल्या जातींत दिनात.'

'जेमेरेन चली दिवपाचो प्रस्न येता तेमेरेन तुमी म्हणटात तें खरें आसा. म्हूणच हांव म्हणटां, चलयेनूच चलो पसंत करून लग्न जावपाक जाय.'

'पूण तुमचेभशेन धिटाय आशिल्ल्यो चलयो आतां मेळटात तरी खंय? हांव म्हणटां -' अशें म्हणत ताणें वाक्य मदींच तोडलें.

सत्याक ताचेफाटलें कारण समजलें. ताणें विशय बदल्लो आनी म्हणलें, होन्नेश तुमगेलें आयकता. ताका समजायात, द्वेश करप बरी गजाल न्हय. म्हाका तुमचे जातीविशीं कितलो विस्वास आसा. हें तुमी ताका कित्याक स्पश्ट करून सांगलें ना.

तो काचाबूल जावन ताचेकडेन पळयत रावलो. सत्यान अकस्मात अशें कित्याक म्हणलें हें मोहनदासाक कळ्ळें ना. तरी आपलें पयलींचें उलोवप तशेंच दवरून ताणें म्हणलें, 'तुमचो वाद कसलोय आसूं. म्हाका हें लग्न मान्य ना.'

'तुमी थंडसाणेन हाचेर विचार करात. पूण म्हाका सांगचे पयलीं तुमी तुमगेलो विचार कोणाकडेन उलोवन दाखोवंनाकात. तुमी फट उलोवचे ना हाचेर म्हजो विस्वास आसा. म्हजी सुचोवणी योग्य आसा काय ना तें तुमीच सांगात.'

तो तोंड उत्कें करून सत्याकडेन पळयत रावलो.

## 3

एक दीस सकाळीं आठ वरांचेर हॉस्टेलांतली वावराडी मीराचे कुडींत येवन म्हणपाक लागली, 'कोण तरी दादलो-मनीस आयला. तुमकां आपयता.' मीरान व्हिजिटर्स रुमांत येवन पळयलें. तागेलो अदमास खरो थारलो. श्रीनिवास

आयिल्लो. मीराक पळयतकूच तो उबो रावलो आनी म्हणपाक लागलो, 'हांगा बसपाक नाका. म्हाका भूक लागल्या. चल, भायर वचुंया.'

'एक मिनटांत कपडे बदलून येतां' अशें म्हूण तें त्या रुमांतल्यान भायर येवन, सोपणां चडून आपले कुडींत गेलें. तागेलें रुम-मेट न्हावपाक गेल्लें. मीरान आपल्या आलमारीचें कुलप काडलें. खंयची साडी न्हेसपाची हातूंत दोन मिणटां गेलीं. नवी विकती घेतिल्ली क्रीम रंगाची साडी, मदीं मदीं कातरीचो मार्क आनी आंगभर बुटे आशिल्ली जरीची साडी आनी त्याच रंगाचो ब्लावज ताणें घालपाखातीर कुशीक काडलो. बेगबेगीन केंस वळोवन विणी घाली, मान्न्यांत वचून तोंड धुलें. मागीर स्नो पावडर लायलो. आनी कपलार कुकूम लायलो. मागीर साडी आनी ब्लावज बदलून, पायांत तांबड्या रंगाचें सँडल्स घालून, मान्न्याकडेन वचून, आपूण भायर वतां म्हूण दारांतल्यान उलो मारून ताका सांगलें. सोपणां देंवन धांवत सकयल आयलें. ताका इतलो वेळ लागिल्ल्यान बेजारिल्लो श्रीनिवास ताका पळोवन अजापीत जालो. ताका आपल्या शेजरा बसोवन ताणें मोटार केंपेगौडा रस्त्यावयल्यान नव्या हॉटेलाच्या दिकेन व्हेली. माळयेर आशिल्ल्या फॅमिली रुमांत दोगांय शेजरा- शेजरा बसलीं. वेटराक ऑर्डर दितकूच तो जिनस हाडपाक गेलो. उपरांत श्रीनिवासान विचारलें, 'हांव इतलीं पत्रां बरयतां. तूं एकूय पत्र कित्याक बरयना?'

'कितें बरोवं?'

'कितेंच बरोवचेशें दिसना?' ताचेकडेन एकटक पळयत श्रीनिवासान म्हणलें. मीरान मान सकयल घाली. ताणें बोल्सात हात घालून एक लेंसाची पोटली भायर काडली आनी सोडली. तातुंतल्यान पांच पोडाचो भांगराचो हार काडलो आनी म्हणलें, 'मात्शें हेवटेन पळय' आनी मीराक कळचे पयलीं श्रीनिवासान हार ताच्या गळ्यांत घालो. 'हें कितें?' अशें मीरान विचारलें. श्रीनिवासान आपणेंच घाल्लो गळ्यांतलो हार आनी पदर सारको करीत म्हणलें, 'तुका हो बरो दिसता.'

'हो कित्याक करून हाडलो तुमी?'

'हो आमगेल्या घराण्यांतले सुनेन घालपाचो हार. नवो केलो ना.'

'तशें जाल्यार तुमी आवय-बापायकडेन उलयले? तांणी मान्यताय दिली?'

'मान्यताय दिली ना जाल्यार मान्य करपाक लावंक जाय. आनी तयार जाले नाजाल्यार आमचो मार्ग आमकां मेकळो आसा. मीरा, मात्शें म्हजेकडेन वळून पळय.'

मीरान श्रीनिवासाकडेन वळून पळयलें. ताणे सुमार एक मिनीट टक लावन पळयत म्हणलें, 'तुगेल्या कानांत वज्राच्यो वेडी घालपाक जाय. मागीर कशें दिसतलें खबर आसा?'

'कशें?'

'वैजयंतीमाला दिसता तशें. हालींसरा हांव बेगीन उठ्ठां. आयज उठनाफुडें म्हज्या मनांत आयलें, हो हार तुज्या गळ्यांत घालून तूं कशें दिसता तें पळोवचें. तेखातीर बेगबेगीन खाड करून न्हालों आनी भायर सरून आयलों.'

तितले म्हणसर वेटरान खाण हाडून दवरलें. गजाली करतां करतां दोगांयनी खालें. कॉफी पिवन, बील आनी टिप वेटराक दितकूच तीं थंयच्यान भायर सरलीं. उपरांत श्रीनिवासान म्हणलें, 'मीरा, आयज दिसभर तुजेवांगडा रावनशें दिसता.'

'आनी म्हजें कॉलेज?'

'तशें जाल्यार तुका म्हजेवांगडा रावचेंशें दिसना?' मीराचो नाजूक हात आपल्या हातांत घेवन म्हणलें.

तें कांयच उलयलें ना. 'चल, मोटारीन बेंगळूरांतल्यान दुसरेकडेन खंयतरी भायर वचुंया. दनपारमेरेन परत येवंया.'

भायर रस्त्याकुशींत मोगरीं आनी आबोलीं एकठांय करून गुंथिल्लो गजरो विकतो घेतलो. ताणें मोटारींत बसून विणयेचेर तो कमानाकृतीन माळ्ळो. मोटार उजवेवटेन वळोवन मल्लेश्वराचे दिकेन वतना वाटेर पॅट्रोल-पंपाचेर पॅट्रोल भरून घेवन ताणें मोटार परती मुखार व्हेली. गांव फाटल्यान पडटकूच श्रीनिवासान आपलो दावो हात ताचे खांद्यार दवरत विचारलें, 'कसलो विचार करता?'

'आमगेलें लग्न इतले सहजतायेन जातलें काय? हाचो विचार करतालें.'

'हें पळय. आमी ताचेकडेन जे नदरेन पळयतात ताचेर अवलंबून आसा. जाण्टयानीं ताशे, वाजंत्री वाजोवन केल्लें लग्नूच सहज आनी बरें कित्याक म्हणपाक जाय? म्हजें मत कितें आसा हें हांवें बापायक कालूच पत्र बरोवन कळीत केलां. हो विशय परस्पर उलोवपापरस पत्रान कळयिल्लो चड बरो अशें दिसना?'

'हय'

'म्हज्या अदमासाप्रमाण अप्पाजी इतले सहजतायेन मान्यताय दिवचे नात. हांव थंडसाणेन आवयक पटोवपाचो येत्न करतलों. जर ते कबूल जाले नाजाल्यार कुमारी मीराचें आनी श्रीनिवासाचें सब- रजिस्ट्राच्या ऑफिसांत

वचून लग्न लावया आनी मागीर दोनूय नांवां जोडून तूं 'मीरा श्रीनिवास' जातलें.'

रस्त्यावयली नदर श्रीनिवासाकडेन वळोवन मीरान म्हणलें, 'म्हज्या मनांतलें सांगू?'

'हुकूम कर.'

'म्हाका रजिस्टर लग्नाची आवड ना. धर्मशास्त्राप्रमाण सगळ्यो विधी करपाक जाय. अग्नी पेटोवपाक जाय. मंत्र एका सुरांत म्हणत रावंक जाय. जमिल्ल्या लोकांनी अक्षता घालतां घालतां आमी मंगळसूत्र बांदून लग्नाच्या पवित्र बंधनात बांदून घेवंक जाय. उपरांत आमी दोगांयनीं बसून हवनकुंडात खूब तूप घालून अग्नी सामको व्हडलो करपाक जाय.'

श्रीनिवासाक आपल्या लग्नाची याद जाली. बेंगळूरांतल्यान आयिल्ले आपले वटेनचे पुरोयत आनी कुमुदिनी वटेनच्या मंड्यांतल्या पुरोयतानी मेळून अशेच पद्धतीचें लग्न केल्लें. ते यादीन श्रीनिवासाच्या मनांत त्या विधीविशीं आकर्शण तयार जालें. 'तुवें असलें लग्न पळयलां?'

मीराचें मन खीन्न जालें. बाविल्लो चेहरो करून म्हणलें, 'खंय पळयतलें! सिनेमांत पळयलां. हवन हांवें सत्यम्माक करतना पळयलां.'

'तुवें तातूंत केन्नाय तूप घालां?'

'म्हाका हवनांत तूप घालचें दिसलें म्हूण एक दीस हांवें सत्याक विचारलें. तेन्ना सत्यम्मान सांगलें, ओगीच तशें तूप ओतोवपाक जायना. तुगेली खरी श्रद्धा आसा जाल्यार सांग. तुका जानवें घालतां. उपरांत तुका अधिकार मेळटलो. उपरांत तुका सदांच हवन करपाक मेळटलें.'

'हांवें विचारलें, सदांच हवन केलें नाजाल्यार जानवें घालूंक जायना?'

'आडखळ आशिल्ल्या दिसा हवन केलें नाजाल्यार जाता. पूण जानवें मात काडिनासतना श्रद्धेन गळ्यांत दवरपाक जाय. सदांच गायत्रीमंत्राचो जप तरी करपाकूच जाय' अशें सत्यान म्हणलें.'

'इतली मनांत इत्सा आशिल्ली जाल्यार तुवें जानवें कित्याक घालून घेतलें ना?'

मीरान सुस्कार सोडलो. मोटारीच्या आवाजांत लेगीत ताका उस्वास जाणवलो.

'कित्याक जानवें घालें ना, मीरा?' अशें श्रीनिवासान आपल्या हातान तागेलो चेहरो आपल्यावटेन वळोवन परतें विचारलें.

'हांवें दोन दीस विचार केलो. हांवें अशें जानवें घालें आनी आमचे जातींतल्या लोकांक कळ्ळें जाल्यार तें कितें म्हणटले? पयलींच हांव कॉलेजात शिकतां म्हूण घोव मेळपाक कठीण आनी तातूंत जानवें, हवन करता म्हणल्यार मागीर जालें! आतां तुमीच सांगात. तुमगेलीय श्रद्धा आसा जाल्यार दोगांयनी जानवें घालुंया. आनी सदांच हवन करुंया.'

'म्हणल्यार आमी दोगांयनी ब्राह्मण जावपाचें काय कितें?'

'हय.'

'सत्यम्मा एकलीच आमकां ब्राह्मण मानतली. आनीक कोण आमकां मानचे नात.'

'मानले ना जाल्यार नाका. आमी आमच्या विस्वासाचेर चलुंया.'

श्रीनिवासान हाचेर विचार केलो. हातूंत ताचो विस्वास नाशिल्लो. जात-धर्म हाचेर विस्वास दवरूंक जायना हें खरें. आनी पटलें तरी अशेतरेन जानवीं घालपाच्या विचारान ताका हासूंक आयलें. तरीलेगीत सत्याचो मुखेल प्रस्न याद करीत ताणे म्हणलें, 'लग्नांत हवन करपाखातीर जानव्याची गरज ना. हालींसरा आमचेमदीं लेगीत तशीं लग्नां जातात. पूण आमकां तशें करपाक मेळटलें? म्हाका दिसता रजिस्टर लग्नच योग्य.'

'अग्नीचे साक्षीन लग्न जावपाची म्हजी इत्सा आसा.' श्रीनिवासाकडेन पळयत मीरान सांगलें.

तितले म्हणसर मोटार वीस मैल पयस आयिल्ली. 'खंय वतात आमी?' अशें मीरान विचारलें.

'नंदी हिल्साचेर वचुंया. तुवें पळोवंक ना न्ही?'

इकरा वरांच्या सुमाराक मोटार दोंगराचे भोंवतणी आशिल्ल्या रस्त्याचेर चडूंक लागली. मीराचे नदरेन हो एक नवो अणभव आशिल्लो. तें एकूच फावटी चामुंडी हिलाचेर गेल्लें. तितलो अणभव सोडलो जाल्यार तें खंयच्याय दोंगराचेर वचूंक नाशिल्लें. मोटार वळणांचेर वळतना श्रीनिवासाचें आंग मीराच्या आंगाक घश्टतालें. मनांत विंगविंगड तरंग उदेताले. वयर चडटां चडटां सकयलें मळ पळोवपाचें आकर्शण आनी मदींच श्रीनिवासाच्या चेहऱ्याकडेन मान वळोवन पळोवपाची इत्सा.

मोटार आयिल्ली पळोवन पर्यटक केंद्राचो शिपाय धांवन आयलो. ह्या पावसाळ्यांत, थंडेत हिलाचेर येवपी पर्यटकूच नाशिल्ले. अशावेळार मोटार थंय पावली. तीं दोगाय मोटरीचें दार काडून भायर येतकूच शिपायान विचारलें, 'सामान आसा सर?' श्रीनिवासाक अजाप दिसलें. पूण श्रीनिवासान रोखडेंच

म्हणलें, 'सामान कांय ना. आमीं सांजवेळमेरेन रावतलीं. विसव घेवपाखातीर एक बरो रूम दी.'

शिपायान पूर्व दिकेक देंगणाचेवटेन जनेल आशिल्ल्या एका रुमाचें दार उत्तें करून दिलें. थंय कोण येता तांची म्हायती बरोवपाचो रजिस्टर ताणें हाडलो. तातूंत 'श्री. आनी सौ. टी. एम. श्रीनिवास, बस वेवस्था, तुमकूर' असो पत्तो बरोवन श्रीनिवासान थंय पाविल्ल्या वेळेची नोंद केली. शिपायानूच रुमांत जेवण हाडून दिलें. दोगांय जेवतकूच बागेंत भोंवपाक गेलीं. मीराक तो परिसर लालबागेपरस खूब आवडलो. एकमेकांच्या हातांत हात घालून दोगांय इतल्या उंचायेचेर, चडटी-देंवतेर थंयच्या रानाभाशेन दिसपी झाडांमदल्यान भोंवतालीं. श्रीनिवासान म्हणलें, 'लग्न जातकूच आमी काश्मीराक वचुंया. कितलें सुंदर आसा तुका खबर आसा?'

'तुमी पळयलां काश्मीर?' मीरान विचारलें.

'सिनेमांत.'

'इतलेंच? तशें हांवेंय पळयलां.'

'म्हजी वैजयंतीमाला वांगडा नासतना हांव एकलों कसो वतलों?' - अशें म्हूण तागेलो चेहरो आपल्या पोशांत घेवन ताणें म्हणटकूच, तें कांयच उलयलें ना. 'भोंवन तुगेले पांय दुखतले. रुमार वचुंया यो.' अशें म्हूण हात धरून झाडांतल्यान मुखार वचपाक लागलो.

रुमाचेर येतना मीराचो स्वास अनियमित जावपाक लागिल्लो. तोंडाचेर एकठांय जाल्ल्या घामान पावडर ना जाल्लो. विणयेचेर माळिल्लो गजरो बाविल्लो. पुराय नंदी-हिल्साचेर कोणूच नाशिल्लेवरी एकांत त्या पर्यटक-केंद्रात भरिल्लो. दोगांय भितर येतकूच श्रीनिवासान दार धांपून खिळी घाली.

'कित्याक?' - मीरान विचारलें. खरस मारिल्लेवरी जाल्ल्यान हो तीन अक्षरी प्रस्न मदीं मदीं आडखळून विचारलो.

श्रीनिवास कांयच उलयलो ना. मीराचो हात धरून तो जनेलाकडेन आयलो आनी ताणे जनेल बंद केलें.

'म्हाका भंय दिसता.' मीरान म्हणलें.

'भिवंनाका. प्लीज मीरा. प्लीज' श्रीनिवासान विनवणी केली.

■




# सोळा

## 1

श्रीनिवास सत्याच्या भाटांतल्या घराकडेन मोटारीन दोन-तीन फावटी आयिल्ल्याचें, आनी सांजवेळमेरेन थंयच रावन घराकडेनूय वचनासतना परतो तुमकूरात वतालो ही खबर मंत्र्याक सारकी मेळटाली. हें घोव-बायलांच्या झगड्याभशेन आसा. तांणीच आपलीं झगडीं जाग्यार घालपाक जाय. मदीं आमी पडून शाणपण करपाक जायना. हो मोग म्हणल्यार गोमावरी. दुसरे फावटी दसल्यार सुटचो ना. नाजाल्यार सांजवेळमेरेन तें ताका एकल्याक कित्याक घरांत दवरून घेतलें? अशें मंत्र्यान विचार करून परतें आपलें समाधान करून घेतलें. आतुरतायेन वाट पळोवपी आपल्या बायलेकूय समजायलें. व्हडल्या पटेलाकूय हेंच सांगून भाटाचेर कोणेय लक्ष दिवपाक जाय अशी सुचोवणी केली.

व्हडली वेंचणूक चार म्हयन्याचेर येवन पाविल्ली. मंत्री स्वताच्या भविश्याविशीं चडशे आशावादी रावले नात. म्हणल्यार तांचेच जातींतले बूदीहळ्ळी तिम्मेगौडा वेंचणूक लडोवपाखातीर उत्सूक आशिल्लो. मतदारांच्या रोखाविशीं कांयच सांगूक जायना. अकस्मात तांणी आपली फजेत केली जाल्यार? मागीर एक विस्वास मनांत जागो जालो. मंत्री आशिल्ल्यान आतां वेंचून येवपाक व्हडले त्रास जावचे नात. असोच तेंको मुखार मेळ्ळो जाल्यार उपमंत्री जावपूय व्हडलें कठीण न्हय. पूण ह्या पांच वर्सांचो अणभव आनी सेवेचो विचार करून कॅबिनेट मंत्री करतले? फुडले खेपेक मुख्यमंत्री कोण जातलो कोण जाणा! पार्टीचो अध्यक्ष सध्याच्या मुख्यमंत्र्याक हरोवन स्वता मुख्यमंत्री जावपाचो येत्न करता. तांचेकडेन म्हजे संबंद बरेच आसात. सून जिवी आशिल्ली जाल्यार वा हासनच्या पुट्टेगौडावांगडा संबंद जुळिल्लो जाल्यार कॅबिनेट मंत्री जावपाक व्हडली तकालस घेवची पडची नाशिल्ली. पूण चल्याचें पिशेंपण म्हजें दुस्मान जालां. कितेंय आसूं, तागेलेंय परतें लग्न जावन वंश वाडपूय तितलेंच म्हत्वाचें. पिवप आनी सिनेमा पळोवप सोडून चारचौगांभशेन वेव्हार पळोवपाक लागल्यार बरें जालें. ल्हानांचे

खोशयेखातीर हांव कितलो व्हडलो त्याग करतां! अशें भाव एकेकफावटी मनांत येताले.

पूण श्रीनिवासान धाडिल्लें पत्र वाचून रागान तांबडे जाले. रुप, गुण, विद्या, सगळे बाबतींत योग्य आशिल्ल्या, तुमचे इश्ट असेंब्लीचे वांगडी बेट्टय्यांचे चलयेकडेन लग्न जावपाचो हांवें निश्चेव केला. हो निश्चेव खंयच्याय कारणाक लागून बदलचो ना. हें लग्न जाणटेल्यानीं मंड्यांतल्या लग्नाभशेनूच शास्त्रान आनी मंत्र म्हणून वेवस्थीत पद्धतीन करून दिवचें अशी विनवणी करून चल्यान बापायक साश्टांग नमस्कार बरयिल्लो. हें कनेक्शन खंयच्या खंय पावलें. मंत्र्यान मनांत म्हणलें. पाळेगार वंशातले जननायक आमी आनी आपल्या चल्यान मांगाचे चलयेकडेन लग्न जावपाचो विचार ताच्या आंगार कांटे उबे रावपासारको जालो. आनी दुसरें म्हणल्यार अशें केलें जाल्यार जातींतली मंडळी ओग्गी रावतली? बूदीहळ्ळीचो तिम्मेगौडा तर गिदावरी टपून बसला. आमगेले जातींतलीं मतां तोच झोंपय मारून व्हरतलो. म्हगलें बीं म्हजीच वाट लावपाक भायर सल्लां. असलो हो म्हगलो चलो. रागार जावन कांयच जावपाचें ना. कसलोय उपाय करून हें प्रकरण जाग्यार घालूंक जाय. नेटान ओडलो जाल्यार आमगेलोच पदर पिंदतलो. मंत्र्यान हाचेविशीं बायलेक कांयच सांगलें ना. सांगलें जाल्यार रडप, आडूडप सुरू जातलें आनी ह्या प्रकारान आपली तकली पिकार जावन कामाची वाट लागपाची शक्यताय आशिल्ली.

गांवांत वचून बेट्टय्याक घेवन येवपाखातीर गाडयेन ड्रायव्हराक धाडलो. दनपरां तीन वरांचेर ड्रायव्हर ताका घेवन आयलो आनी तो आयला म्हूण मंत्र्यांक रोखडोच घरांतल्यान फोन केलो. शॉवर्ले स्वता चलोवन विधानसौधेंतल्यान मंत्री रोखडोच घराकडेन आयलो. घरांत बसून ह्या विशयाचेर उलयल्यार आपले घरकान्नीक कळटलें हाचो विचार करून ताणें कंपावंडांत आशिल्ल्या व्हडल्या आंब्याच्या झाडापोंदा बेताचीं कदेलां दवरपाक लायलीं. बेट्टय्याक खाण आनी कॉफी दिवन आपणेंय कॉफी घेतली आनी चार उपचारीक उलोवणीं केलीं. मागीर मंत्र्यान म्हणलें, 'म्हगेल्या चल्यान अशें पत्र बरयलां. हीं आयचीं भुरगीं तकली दुखपाचीं कामां करतात. आमी दोगूय एके आवयच्या भुरग्यावरी आसात. जाती मागीर विंगड आसूं. काळीज पूण एकूच आसा. हांव म्हणटां तें खरें काय न्हय?'

'हय.' बेट्टय्यान म्हणलें.

'पूण आयजमेरेन कोणेच केलें ना तें काम केल्यार आमचेंय वायट जातलें, आनी तुमकांय त्रास जातले. खरें काय ना?'

‘हय, म्हाका लेगीत हें मान्य ना. पूण आश्रमांत तुमीच पळयिल्लें न्हय? लक्ष्मीचें लग्न -’ त्या उतरांचो सूर पळोवन मंत्र्यान मनांतल्या मनांत चेडयेच्या म्हूण गाळ माल्ली. भितरल्यान होवूय ताका तेंको दिता अशें समजले. पूण जाणोवन दिनासतना मंत्र्यान म्हणलें, ‘ती आश्रमाची गजाल आसूं. थंय कितेंय केल्यार बरेंच दिसता. मोर नाचता म्हूण किरकावळो नाचल्यार बरो दिसतलो? आमगेल्या खेड्यांतली मनशां तुमकां खबर आसाच. तुमगेलींच मनशां तुमकां विरोध करतलीं. तुमी सकयले जातीचे आनी आमी वयले जातींतले अशें हांव निखालस मानिना. पूण तुमचे जातीक म्हूण जो मान आसपाक जाय तो तुमकां आसाच. दुसरे जातींत चली दिवप हें तुमच्या जातीकूय सोबपाक जाय.’ ‘तुमकां सगळें खबर आसा. पूण ह्या भुरग्यांक कोण समजावन सांगतलो?’ अशें बेट्टय्यान म्हणलें.

सांजवेळमेरेन उलयले तरी ताका कांयच सुचलें ना. ह्या मांगाक सगळें खबर आसा काय हाणेंच भितरल्यान मोन्यांनी घडोवन हाडलां काय? असो दुबाव आयलो. पूण रागार जावन कांयच फायदो जावपाचो ना हाचेंय भान ताका आशिल्लें. निमाणें मंत्र्यान म्हणलें, ‘लग्न म्हणल्यार पोरांटकी न्हय. आमी आमगेल्या कुळदेवाक विचारपाक जाय. तुमीय तुमगेल्या कुळदेवाक विचारपाकूच जाय. ह्या पावसाळ्यांत उत्सव करून प्रश्न विचारपाक जावचें ना. तोमेरेन तुमीय विचार करात. हांव ताका विरोध करपी मनीस न्हय. देवाच्या मनांत तेंच आसा जाल्यार जावं दी. तेखातीर देवाक विचारुंया म्हणलें हावें.’

हो मुद्दो बेट्टय्यांकूय पटलो हें मंत्र्याक कळ्ळें. आग्रो करून ताका रातीकडेन जेवोवन आपले मोटारीन एम.एल.ए. हॉस्टेलांत पावयतासना, ‘देवाचो उत्सव करपाचो म्हणल्यार हो पावसाळो वचपाक जाय. तेमेरेन तुमगेली चली श्रीनिवासाक मेळची ना हाचेकडेन लक्ष दियात.’ बेट्टय्याच्या कानाकडेन ताणें ल्हवूच सांगलें, ‘ताची बायल मेल्या. एकफावटी रूच लागली कायना, लक्ष तेवटेनूच वता. ही आयज-कालचीं भुरगीं तुमचे-आमचेवरी आश्रमांत रावन ब्रह्मचर्य खंय शिकिल्लीं आसतात? तुमगेले चलयेकूय समजूत ना. मोगाच्या नांवान तांणी कितेंय कमी-चड केलें जाल्यार तुमचोय अपमान जातलो. देवाचो कौल मेळसर तीं दोगांय एकमेकांक मेळचीं ना हाची जापसालदारकी घेयात.’

हो उपाय बेट्टय्याकूय पटलो. ताच्या चेहऱ्याचेर भंय कसो दिसूंक लागलो. ताचे फाटीचेर हात मारून मोटारींत बसयतना मंत्र्यान म्हणलें, ‘जेन्ना

तुमकां गांवात वचपाक जाय तेन्ना जाय जाल्यार मोटार धाडून दितां. म्हजी स्वताची मोटार आसा. सरकारान दिल्या ती तुमचीच अशी समजात.'

हाणें मात्सो फरक पडला. पूण इतल्यांत पुराय काम जावचें ना. हागेलो सभाव बरो आसलो तरी हागेलो चलो तिडकीवादळ आसा. ताका केन्नाच पळयलो ना. ताणेंच बापायक आनी आपले धाकटे भयणीक तेंको दिला आसतलो. बेट्टय्याचेर आदन दवरून कांयच काम जावचें ना. आपल्या भांगराक पारखिलेबगर शेटीक दोश दिवपाक जायना अशें येवजून तिसऱ्या दिसा सदचेपरस बेगीन उठून मंत्री तुमकूरांत गेलो. चल्याकडेन कशें उलोवपाचें हें कितलेंय येवजिल्यारलेगीत ताका सुचनाशिल्लें. पूण तिडकलो जाल्यार सगळें इबाडटलें हाचें भान मात ताका आशिल्लें.

सात वरांचेर ऑफिसाफाटल्यान आशिल्ल्यो बशी एकेक करून स्टँडाचेर वताल्यो. इतले बेगीन मंत्र्याक आयिल्लो पळोवन ड्रायव्हर आनी कंडक्टर, आमचे तपासणीखातीर आयल्यात दिसता, ह्या विचारान ते सादूर जाले. पांच मिणटां एकेकल्याकडेन उलोवन मंत्री चल्याच्या रुमार आयलो. तो उठून तोंड धुवन कपडे घालतालो. हालिंसरा तो सदांच वेळार वचून सगळो हिशोब पळयता हें ताच्या कानार पडिल्लें. रूम निवळ आशिल्लो, सिगाराचो वास लेगीत नाशिल्लो. सगळेवटेन सुदारता. ही एकूच गजाल सारकी करपाक जाय. अप्पाजीक पळोवन तो बरेभाशेन उलयलो.

'कलेक्शन कारकून पळयतलो. तूं बस. तुजेकडेन मात्शें उलोवपाक जाय.' अशें म्हूण ताका बसयलो. 'गांवात कित्याक येना तूं? जल्म दिल्ल्या चल्याक तूप-बिप खावोवपाची संद दिना तुगेले आवयक?' अशें मंत्र्यान म्हणलें. श्रीनिवासाच्या चेहऱ्याचेर खुशालकाय दिसली. मंत्र्यान उपरांत मुखेल विशयाक हात घालो. 'तुगेलें पत्र मेळ्ळें. हांव सायबा गांधीवादी मनीस. आश्रमांत रावन आयिल्लों. हरिजन चलयेकडेन लग्न जा. पूण अहिंसेक पाळो दिवपाक जाय. पयलींसावन घडनाशिल्लें करुंक गेल्यार, तुगेलो आजो झरून मेलो वा आवयन गळफांस लावन घेतलो, जाल्यार हें पातक कोणाच्या माथ्यार?'

श्रीनिवासाचो चेहरो देंविल्लेवरी जालो. पूण रोखडीच तिडक माल्ली. 'जांकां मरपाचें आसा तांकां मरूंदी. आमी तेखातीर कितले दीस वाट पळोवपाची?'

'आरे, अशें कितें म्हणटा तूं?'

'हांव, तीं दोगांय मरसर असोच बसून रावं?'

'तुगेले आवडीचे चलयेकडेन लग्न करून दिवपाक तेवूय तयार जाल्ले, हो खंयचो न्याय. प्रत्येक फावटी तुवें एके नवे चलयेक पसंत करप. तें कशें शक्य

आसा? मोगांतूय निश्ठा जाय - राष्ट्रनिश्ठा, तत्वनिश्ठा आसता तशी. नेहरू किते सांगतात? आमगेल्या वेंकटरमणय्यांचे चलयेक तुवें कित्याक सोडलें?'

'हांवें सोडलें ना' - अशें म्हणून श्रीनिवासान उलोवणें थंय थांबयलें आनी दोन मिणटांनी म्हणलें, 'सत्या लग्नूच जावचें ना. तुमकां आनी तो विशय नाका. हांव बेट्टय्याचे चलयेकडेनूच लग्न जातलों. आनी एक सांगतां तुमकां. हे फावटी सब्-रजिस्ट्रार ऑफिसांत सांगून कसलोय बोवाळ केल्यार वा येत्न केल्यार हांव ओगी रावचो ना. तुमकां इत्सा आसा जाल्यार शास्त्रान लग्न करून दियात. नाजाल्यार म्हजें हांव पळोवन घेतां.'

किते सांगचें तें मंत्र्याक कळ्ळें ना. एक कानसुलाचेर दिवचेंशें दिसलें. पूण रागान कामाची वाट लागतली हेंवूय ताका कळटालें. वाट लागल्यार कसली लागतली? पाळेगार वंशातलो आसून हांव चल्याक भिवं? दुसऱ्याच खिणांत याद जाली - ताच्याय आंगात तेंच रगत आसा. आनी अशें म्हूण ताणें आपल्याक सावल्लो आनी म्हणलें, 'तूं विचार कर. हांवें किते सांगपाचें तें सांगलें. तुगेलें सूख तेंच म्हगेलें सूख. हांव काय जात-पात मानिना. तुवें वेंकटरमणय्यांचे चलयेकडेन लग्न जावचें अशी आमची इत्सा आसा. सत्याक कित्याक सोडलें? ह्या मांगिणीकडेन लग्न जाल्यार पाळेगार वंशाची किते किंमत उरतली? ताकतीक करूंनाका. रजिस्टर-बिजिस्टर जावपाक जायना. तातूंत कांयच अर्थ ना. घरांतल्या जाण्टेल्यांच्या आशिर्वादान सगळें जावपाक जाय.' अशें सांगून, 'बेंगळूरांत पासय मार' अशें परतें सांगून तागेल्या खांद्यार हात दवरून भायर सरून गेलो. श्रीनिवास मात तसोच नीट्ट उबो राविल्लो.

## 2

मोहनदासाखातीर पुस्तक बरोवन जातकीच, सत्यान कांय दीस कांयच वाचलें ना. भाटांच्या आनी शेताच्या कामांत तें गुल्ल जालें. हे खेपो एके वळीन येवपासारकें नांगरपाक शिकपाचें ताणें थारायलें. सकाळीं बेगीन उठून तें कामाक लागतालें. वत माथ्यार येसर तागेलें हें काम चलतालें. घरा येवन न्हावन, रांदपाक दवरून, हवन करून जेवच्या वेळार ताका पुरो जातालें. सांजवेळां मात तें जोत धरपाक वचनाशिल्लें. वेंकटेशाचो नोकर मुखावयलें काम पळयतालो. सत्यान नांगर धरून शेतांत काम करप हें गांवकाऱ्यांक व्हडली नविदाद दिसनाशिल्ली. तें नांगर धरून बैलांक वांटकुळे भोंवडायता तें पळोवन कोणूच अजापित जावन पळयनाशिल्ले.

कांय दिसांनीच ताका त्या कामाविशीं दिसतालें तें आकर्शण कमी जाल्लें. एक दीस सांजवेळा तें पासय मारीत देवळाकडेन गेलें. थंय वतकूच कितल्यो तरी यादी ताका वेंगावपाक लागल्यो. अप्पा ह्याच जाग्यार न्हिदतालो ताची, श्रीनिवासाचे बायलेक स्राप दिल्लो ती, मोहनदासान अप्पाक अपमानीत करून झगडीं केल्लीं, हांगाच सॅन्सस् जातकूच गांवांतले सभेंत उलयतां उलयतां तें दोळ्यांमुखार काळोख येवन पडिल्लें. ह्या घडणुकांची याद जाली. गांवांपरस हें देवूळ पोन्नें. अकस्मात सत्याच्या मनांत एक विचार आयलो. प्लीट हांणी बरयिल्लो ह्या जिल्याचो इतिहास सोडलो जाल्यार ह्या देवळाविशीं आनीक खंयच कांयच बरयिल्लें ना. हें देवूळ आनी हो गांव हाचेर एक ल्हानशें पुस्तक कित्याक बरोवचें न्हय? म्हैसूरांतल्या एका प्रोफेसराचें मार्गदर्शन घेवन हें देवूळ जूस्त केन्ना बांदलें, हें मूळ शिवालय काय विष्णूचें देवूळ, गांवाभायली तटबंदी केन्ना बांदून घेतली, ह्या प्रस्नांच्यो जापो मेळोवपाचो येत्न करपाक जाय. प्रोफेसराक ह्या संबंदात विचारपाचें म्हणल्यार पयलीं आपणें मात्शें ताचेविशीं जाणून घेवंक जाय. असो विचार करून, ताणें दुसऱ्या दिसाच तावरेकेरेंतल्यान एक लांब टेप हाडली. देवळाची लांबी-रुंदी, विस्तार हाच्यो ताणें नोंदी केल्यो. गांवातल्या ह्या तलावाचो इतिहासूच म्हत्वाचो आसा अशें सत्याक दिसलें. एक दीस सकाळीं इतलें करून, म्हैसूरांत केन्ना वचपाचें हाचो विचार करीत इकरा वरांचेर भाटांत आयलें.

सत्या आयलें तेन्ना वेंकटेश तागेली वाट पळयतालो. हालिंसरा तो सत्याक मेळपाक चडसो येनाशिल्लो. केन्नाय येतालो. तो आपल्याचेर रागार आसा काय अशेंय ताका दिसतालें. पूण तरी तें आपूण जावन ताचेकडेन चड उलोवपाक वचनाशिल्लें. वेंकटेशाक पळोवन सत्यान म्हणलें, 'केन्ना आयलो? चड वेळ जालो येवन?'

'तूं देवळाच्या भोंवतणीं कितेंतरी मेजतालें न्हय? हांवे तुका पळयिल्लें.'

'ताचेर एक पुस्तक बरोवपाचो विचार आसा.'

'बरय! आमगेल्या गांवांतल्या देवळाची म्हायती कोणेतरी बरोवपाक जाय. तेबगर भायल्या लोकांक कशें कळटलें?'

आयज तो उमेदी आशिल्ल्याचें सत्याच्या लक्षांत आयलें. पांच मिणटां हेर विशयांचेर गजाली करतकूच वेंकटेशानूच विशय काडलो, 'हांवेंच चुकीची समजूत करून घेतिल्ली. बरें काम केलें तुवें.'

'कसलें काम?'

'श्रीनिवासाच्या लग्नाविशीं म्हणटां हांव.'

'कितें जालें?'

'चेडयेचो, तागेलो बापूय ब्राह्मणाची चली सून करून आमगेले जातीचो अपमान करपाक सोदतालो. आतां तोच चलो मांग चलयेकडेन लग्न जातलो म्हूण हट धरून बसला. सगळ्या गांवांत ही बातमी पातळ्ळी. आतां तो कसल्या पेचांत पडला तें तुका खबर आसा?'

'कसल्या पेचांत?'

'ताणें बेट्टटय्याचे चलयेकडेन लग्न करून दिवपाचें थारायलें जाल्यार तागेल्या रयत जातीचीं मतां ताका मेळचीं नात. आनी लग्न केलें नाजाल्यार म्हार-मांगांची मतां गेलींच म्हणपाचीं. कितेंय जालें तरी तो पडटलो हें खरें.' - अशें म्हूण खुशालभरीत जावन हांसलो.

पूण हो सत्याक अपमान कसो दिसलो. ताका तिरस्कारूय दिसलो. सत्यान म्हणलें, 'वेंकटेश, आमी भांवडां म्हणटकूच हांसत-खेळत रावपाचें, पूण सदांच तूं म्हाका वायट दिसतलें अशेंच उलयता.'

'कित्याक? कितें जालें?'

'तांणी लग्न जाता म्हणल्यार, आमी तांकां शुभाशिर्वाद दिवपाक जाय. ताचेपरस तागेल्या अप्पाक हें वायट वतलें म्हूण उमेदी जावप योग्य न्हय.'

'तशें जाल्यार तूं ताचेकडेन लग्न जायनासतना ताका मीराकडेन लग्न जावपाक उत्तेजीत कित्याक केलें?'

'लग्न जावपाची म्हजी इत्साच ना. वेंकटेश, तूं खूब बुदवंत तरीकूय हांव कितें म्हणटां तें तुजे तकलेंत वचना.' अशें म्हणत सत्या न्हावपाखातीर उठलें. तागेलें न्हाण जायमेरेन तो थंयच बसून रावलो आनी उपरांत घराकडेन गेलो. सत्यान जेवन वच म्हूण आग्रो केल्लो पूण 'घराकडेन सांगून आयलों ना. हांव गेलेबगर ती जेवना.' अशें म्हणत तो थंयच्यान गेलो.

सत्यान रांदपाक दवरलें आनी हवनाक बसलें. शांततायेन मंत्र म्हणून निमणें ल्हवू ल्हवू तूप आनी हवीस अर्पण करतना भायर मोटारीचो आवाज आयकूंक आयलो. श्रीनिवास आयला आसतलो अशें ताका दिसलें. रांदचे कुडींत वचून उजो सारको केलो, शीत करून सकयल दवरलें. नाचण्याचो मुद्दो करपाक उदक दवरतना घरा लागसार पंपशूचो आवाज आयकूंक आयलो. पळयल्यार मंत्री-महोदय आयिल्ले. शेंदरी पातळावन सत्यान ताका बसपाक सांगलें. ताच्या चेहऱ्याचेर हांसो दिसतालो म्हूण भितरल्यान ते तिडकीन खतखताले हें सत्याच्या लक्षांत आयिल्लें. अजूनमेरेन हवनाचो अग्नी पेटत आशिल्लो पळोवन ताका आनिकूय तिडक मारली. तांणी स्पश्टूच म्हणलें, 'अम्मा, त्यावेळार

तुका निर्शेवणी आयली आसतली. पूण ताका हांव जापसालदार आशिल्लों? खरें कितें जालें तें तुका खबर ना. पूण तुवें म्हजो असो सूड घेवपाक जायना.'

'पूण हांवें कितें केलां?'

'तुगेल्याच घरांत बेट्टय्याचे चलयेची आनी श्रीनिवासाची वळख जाली न्हय?'

'जावंक शकता.'

'तुजेखातीरूच श्रीनिवासान मीराकडेन लग्न जावपाचो निर्णय घेतलो.'

'तशें जाल्यार तुगेलो चलो कुकुलो बाबू काय कितें?'

'आपलेंच नाक कापून दुसऱ्यांक अपशकून करपाचो प्रकार जालो हो. सूड घेतां घेतां तू आपलें सूख पयसावन उडयता. हें समा न्हय. म्हाका आपल्या बापायभाशेन मान आनी म्हगेलें आयकून घे. मोन्यांनी श्रीनिवासाकडेन लग्न जा.'

सत्या येवजुपाकूच पडलें. आपल्या अंतःकारणाची सोद घेवपाची पाळी ताचेर आयली. आपल्या वांट्याक आयिल्ले निर्शेवणेक लागून हांव तशें वागलें! एक मिनीट ताकाच भंय दिसूंक लागलो. जितलें म्हाका खबर आसा तेप्रमाण हांवें तसो उद्देश मनांत बाळगून कांयच केलें ना. श्रीनिवासाकडेन लग्न जावपाचो विचार तागेल्या मनांतल्यान केन्ना भायर सरून गेल्लो. पूण ताचेविशीं मनांत अजूनय काकुळट आसा. ताणें सुखांत रावचें अशी अपेक्षा आसा. तांचे जातींत बरी चली मेळची नाशिल्ली काय? 'तुगेले जातींतल्या गुणी चलयेकडेन लग्न जा' - अशें हांवें ताका कित्याक सांगलें ना. मीराचें नांव कित्याक सुचयलें? फकत सुचयलें इतलेंच न्हय जाल्यार ताचीं हांवें फकाणां लेगीत केलीं. खऱ्यांनीच हांकां अपशकून करपाखातीर हांव म्हजें नाक कापतां काय? म्हणल्यार अजूनय हांव श्रीनिवासाचेर मोग करतां? आतां सूडबुद्दीन अशें कितेंय करून मीराचें आनी श्रीनिवासाचें लग्न जातकूच हांव दुख्खी जातलें व्हय? हें सगळें आतांमेरेन तरी सत नाशिल्लें. पूण आतां स्पश्ट दिसून येता की हें सत जातलें. पूण ताचेकडेन लग्न करप शक्य ना अशें त्यावेळारूय अंतर्मन सांगतालें आनी आयजूय तेंच सांगता. कित्याचेर विस्वास दवरपाचो?

कितें उलोवचें तें कळूंक नाशिल्ल्यान तें तशेंच बसून रावलें. इतलो वेळ ओग्गी बशिल्ल्या मंत्र्यान म्हणलें, 'अजूनय विचार कर. तूं म्हजी चली आशिल्ली जाल्यार तुका जशो चार समजिकायेच्यो गजाली सांगतलों आशिल्लों तशो आतांय सांगतां. सून लेगीत चलयेभाशेन, तू फकत चली न्हय. उपरांत आमगेल्या घरची धनीण जावन तुगेल्या घोवाकूच न्हय तर म्हाकाय

शाणपणाच्यो गजाली सांगपाचो अधिकार आसा तुका.' अशें सांगून थंयच्यान गेले.

'जेवन वचात, नाजाल्यार कॉफी घेयात.' असलीं उपचारीकपणाचीं उलोवणी करिनासतना सत्या स्वताचें अंतर्मन पारखीत मोन्यानी बशिल्लें.

भाटातलें वंये भायर कच्च्या रस्त्याचेर आपले मोटारींत बसतां बसतां मंत्र्यांच्या मनांत एक विचार आयलो. हेंच खरें, अशेंच जालां आसतलें : वेंकटेश भयणीक मेळूंक आतऱ्या पयऱ्यान येता. भावा- भयणीभितर संबंद बरे आसात. ताणेंच भयणीक हो मार्ग सुचयला आसतलो. कारण सत्यान म्हज्या चल्याकडेन लग्न जावचें न्हय अशें वेंकटेशाचेंय मत आशिल्लें. ताणेंय स्वता हें लग्न जावचें न्हय म्हूण खूब येत्न केल्ले. म्हणल्यार हें वेंकटेशाचेंच काम आसतलें. नाजाल्यार बसलायन घेवन दिली ना म्हूण वेंकटेशान सत्याक कूस लायलें काय? अशेंच आसपाक जाय. ताणें लायिल्लो सुरूंग काडपाचें काम वेंकटेशाचेरूच सोंपोवपाक जाय. आतां ताकाच म्हऱ्यांत घेवन हें काम करपाक जाय. तितले म्हणसर मोटार मुखेल रस्त्यार येवन तटबंदीच्या प्रवेशदारांतल्यान भितर सरताली. ड्रायव्हरान सदचेवरी वाड्याकडेन वचपाचो रस्तो धरिल्लो. मंत्र्यान रोखडेंच ताका सांगलें, 'थंयच्यान नाका. उजवेवटेन घे -' अशें म्हूण मोटार वेंकटेशाचे घराकडेन उबी केली.

दार बंद आशिल्लें. मंत्र्यान दारार मारलें. वेंकटेशान दार उक्तें केलें. तो फकत बनियनाचेर आशिल्लो. दाव्या हातांतले गंधाचे डबयेंतले गंध उजव्या हाताचे तर्जनीन घांसत आशिल्ल्याचें लक्षांत आयलें. तें पळोवन मंत्र्यान म्हणलें, 'कसो योग्य वेळार आयलों. म्हाकाय पान वाडपाक सांग.' अशें म्हूण तो भितर आयलो.

मंत्र्याचें येवप अनपेक्षित आसलें तरी ते कित्याक आयल्यात हें वेंकटेशाच्या लक्षांत आयलें, 'येयात, येयात. ब्राह्मणाच्या घरांतलो पचको सार तुमगेले जीबेक रुचीक लागचो ना. तीख लांस मारपाचें जाय तुमकां.' लाकडाच्या कदेलाकडेन बोट दाखयत वेंकटेशान म्हणलें.

'जेवपाक वाडचों ना अशें म्हण सायबा.'

'आमी वाडपाक तयार आसात, पूण तुमी जेवतले? राजदृश्टी पडली जाल्यार कितेंतरी वायट घडटा म्हणटात. तुमी दिवाण. आमगेल्या घरा येवन दृश्टी घाली. आतां अन्न-शांती केली नाजाल्यार कशें जातलें? खऱ्यांनीच जेवतले तुमी?'

मान नीट आसली तरी मंत्र्यांनी मनांतल्या मनांत तकली हालयली. ह्या ब्राह्मणाच्या उलोवपांतल्यान कितले तरेचे अर्थ भायर सरतले कोण जाणा. 'आरे, पान वाडपाक सांग -' अशें मंत्र्यान परतें सांगतकूच तो भितर सांगपाखातीर उठून गेलो. खंय वाडपाचें हाचो जयम्माक प्रस्न उप्रासलो. तिणें मागीर आपल्या घोवाकूच विचारलें.

'भायर कदेला म्हऱ्यांत वाड. आमी दोगूय थंयच बसतात. नरसिंह पुरोयताक भितर बसूं दी.'

'ते इतले प्रतिशठीत आसात. तांकां थंय वाडल्यार कितें दिसतलें? हे मदले कुडींत खांब्याकडेन वाडल्यार कशें?' अशें जयम्मान विचारलें.

'कितें दिसतलें? आतां गरज पडली म्हूण म्हाका सोदीत घराकडेन आयला. आपूण जावन जेवपाक बसला. जवळीक दाखोवपाक, विस्वास वाडोवपाक. हाचेपयलीं हांगा खंय आयिल्लो? आपल्या राजवाड्यांत बसून म्हाका निरोप धाडटालो!'

तो भायर आयलो तेन्ना मंत्र्यान ड्रायव्हराक घराकडेन जेवपाक धाडून दिलो. दार आड करून, कदेलाम्हऱ्यांत जमनीर एकामेकांमुखार दोन पत्रावळी वाडल्यो. वेंकटेशानूच दोन ल्हान शेंदऱ्यो बसपाक दवरल्यो आनी उदकाचे दोन चेंबू-पेलेय दवरले. ताका फाटल्या दारांत घेवन वचून, उदकाच्या तांबयाक हात लावपाक दिनासतना वेंकटेशानूच ताच्या हातार हात धुवपाखातीर उदक घालें. आपल्या खादीच्या कोटाच्या बोल्सांतल्यान लेंस काडून हात पुसले. माथ्यावयले तोपयेची घडी पेड्ड्यार जावची न्हय म्हूण अळंग कदेलाचेर दवरून पत्रावळेमुखार दवरिल्ले शेंदरेचेर बसलो. घोवान पिवपाखातीर पितळेचे चेंबू आनी पेले दवरिल्ले पळोवन जयम्माक मनांतल्या मनांत राग आयलो. शीत वाडून भितर वतकूच तिणें भितरल्या ट्रंकांतलो रुप्याचो पेलो भायर काडलो. तातूंत सार घालून ताचेर दोन कुलेरां घरावें तूप घालून ताचे मुखार हाडून दवरलो. वेंकटेश मुमुरखोच हांसलो. मंत्र्यांकूय हासूंक आयलें. एक घोंट सार पिवन ताणें म्हणलें, 'तूं कितेंय म्हण यंग्टेश, तुमगेल्या लोकांक जसो हो सार करपाक जमता तसो आमगेल्या लोकांक जमना.'

शीताचेर तूप वाडपाक आयिल्ल्या जयम्माक हें आयकून बरें दिसलें. पूण वेंकटेशान म्हणलें, 'हो पचको सार पिवनूच आमची वाट लागली.'

सारान शीत कालोवन चार भुरके मारतकूच मंत्र्यान विचारलें, 'एका मुखेल विशयाचेर उलोवपाखातीर हांव हांगा आयिल्लों. आतांच उलोवंया, काय उपरांत आमगेल्या घराकडेन वचून उलोवंया? तूं घराकडेन येता?'

'आतांच सांगात, तातूंत कितें?'

मंत्र्यान भितर बशिल्ल्या नरसिंह पुरोयताक पळोवन नदरेन खुणायलें. वेंकटेशान म्हणलें, 'मुखार कोणूय आयल्यार शिंग मारूंनाका आनी फाटल्यान आयल्यार खोंट मारप ना अशेतरेन ताका दवल्ला. हांगाचें थंय करपाची संवय ना तांकां. सांगात. कांयच हरकत ना.'

'पळय सायबा. तुका सगळें खबर आसा. तुगेले धाकटे भयणीकडेन श्रीनिवासान लग्न जावचें अशें म्हज्या मनांत नाशिल्लें. आनी तसो उद्देशूय नाशिल्लो. तांणीच आपआपसांत थारायिल्लें. तुका इत्सा नाजाल्यार आसूं. म्हाका आतां लेगीत दिसता आमचेच जातींतली चली हाडची म्हूण. तरिकूय तुवें तागेले तकलेंत अशें कितेंय घालून ताका फितूर करपाक जायनाशिल्लें.'

'खंयच्च्या विशयाचेर तुमी उलयतात?'

'बेट्टय्याचे चलयेकडेन लग्न जातलो म्हूण हटाक पेटला तो खबर ना तुका?'

'अशें?'

'हें पळय, कांयच खबर नाशिल्लेवरी कानार केंस काडूंनाका. कितलोय जालो तरी तूं चाणक्य महर्शी. हांवें तुजें कांयच वायट केलें ना. बशीची लायन घेवन दिता म्हणिल्लें खरें. त्यावेळार जमलें ना. ती मेळोवपाक कितले त्रास काडचे पडटात तुका कितें खबर? जाय जाल्यार तुका आतां एक लायन मेळोवन दितां, आनी तशें शक्य जालें ना जाल्यार आमगेलीच एक लायन तुज्या नांवार करतां.'

'गांवांतल्यो सगळ्यो लायनी आतां सरकार आपल्या ताब्यांत घेता. आनीक स म्हयने नाजाल्यार चडांतचड एक वर्सभर मेळटली. म्हाका कित्याक जाय बस लायन?'

'बस लायन नाका जाल्यार अशें कर. ट्रकाचें लायसन्स जाय? सरकारी जमीन जाय? तूं मुखार आयलो जाल्यार म्हज्या पोटांत कित्याक दुखतलें?'

'पूण तुमी कितें म्हणटात तेंच म्हाका कळ्ळें ना. कितें जालें तें तरी सांगात.'

'पळय, हांव तिडकुवपाखातीर सांगना. तुगेले बुदवंतकायेची तुस्त करीन दिसता म्हूण सांगता. म्हज्या चल्यान बेट्टय्याचे चलयेकडेन लग्न जावपाचो हट धरला. तातूंत तुगेले भयणीचो हात आसा. आतां श्रीनिवासाक बरी बुद्द दिवन हें लग्न थांबोवपाचें काम तुवेंच करपाक जाय. आतां तूं म्हाका न्हयकार दिवंनाका.'

वेंकटेशान विचार केलो. योग्य संद मेळटकूच घालो घालप हें व्हडलेंशें कठीण काम न्हय. पूण हांकां हांवें कित्याक मजत करपाची? म्हाका एक बस-लायन दिवपाक हांकां आडमेळ्यांची याद जाता. हाणें आपल्याक मात चार बस लायनी करून घेतल्यो. इतल्याचेर तो उमेदी ना. फुडले वेंचणुकेखातीर बूदीहळ्ळी तिम्मेगौडांचो निरोप आयिल्लोच आसा. हागेल्या चल्यान ते मांग चलयेकडेन लग्न केलें जाल्यार तिम्मेगौडावटेन रावन ताका सकयल देंवोवपाक जाता. तशें केल्यार सगळें वेवस्थीत जातलें.

ह्या विचारां फाटोफाट विवेक जागो जालो. कितलेंय जालें तरी हो मंत्री. जाय तितले पयशे ओतोवन निवडून येतलोच. हारले तरी, एकाच गांवांत रावन तांच्या विरोधांत वचून दुस्मानपण जोडप समा न्हय. अशें केल्यार तेमाक लागून देवळाचें पूजेचें काम हिसकावन घेवंक शकतात. ताचेपरस जितलें मेळटलें तितलेंच घेवन कूस मारिल्ली बरी.

वेंकटेशान म्हणलें, 'तशें न्हय. तुमकां जितलें समजता तितलें म्हाका खंय समजता?'

'तू चाणक्य ऋषी म्हूणच सांगता न्हय तुका! आमी चंद्रगुप्त. आमी शिंवासनाचेर बसत. पूण बुद्द तुमचीच.'

वेंकटेशाकूय खोस जाली. आपलें काम आसतनाच ते अशें उलयतात. नाजाल्यार मात लेगीत पळयनात हाची वेंकटेशाक याद जाली. आनी ताणें मनातल्या मनांत म्हणलें, 'म्हणटात न्हय? काम जावं आनी वैज...'

'तुका कितें जाय? स्पश्टपणान सांग पळोवया,' मात्शे तापिल्लेवरी मंत्री उलयले.

'म्हार-मांगांक तुमी जमनी मेळोवन दिल्यो. म्हाकाय धा एकर माडाचें भाट जातलें अशी जमीन मेळोवन दियात. गांवांतल्या तळ्याकडेन.'

'पळय, हातांत हांवें अन्न घेतलां. अर्ज कर. सामके कमी किमतींत मेळोवन दितां. तुका स्वताची जमीन आशिल्ल्यान फुकट दिवपाक मेळचें ना. सरकाराकडेन एक हजार रुपया जमा करता? आनीक एका म्हयन्यान तूं खोरें, पिकास घेवनूच जमनीर पांय दवरूंक शकता.'

'बरें, दिता हांव एक हजार रुपया.'

'तुगेलें काम जालें. आतां म्हगेल्या कामाचें कितें करता सांग? श्रीनिवासान हे मांग चलयेचो नाद सोडपाक जाय. आमगेलेच जातींतली, म्हणल्यार हांव सांगता ते चलयेकडेन ताणें लग्न जावपाक जाय.'

वेंकटेशाच्या मनांत रोखडोच एक उपाय सुचलो. ताणें म्हणलें, 'पयल्या कामाची गॅरंटी दितां. दुसऱ्या कामाचें सांगूंक शकना. मात्शे त्रास घेवचे पडटले.'

'बरें, तितलें तरी कर पयलीं. शेंवटिल्ली बडी चुकयल्यार, हजार वर्सां आयुश्य.' अशें म्हूण ते मागीर सुशेगाद जेवले.

**3**

घरांत लागपी सामान एकेच फावटी तावरेकेरेंतल्यान वा तिपटूरांतल्यान हाडपाची वेंकटेशाची सदची संवय. रातीकडेन बसून शाबू, शिकेकाय, पावडर, भिकणा तेलाचें लात, तोरी दाळ आनी हेर सामानांची एक पटी तयार केली. दोन साका पोतयो आनी सामान बांदपाखातीर पोन्नेलीं चार पुडवीं घेवन सकाळचे बशीन तुमकूरांत गेलो. धा वरांचेर बशींतल्यान देंवन श्रीनिवासाच्या रुमार पावलो तेन्ना श्रीनिवास हातांत एक कागद घेवन वाचतालो. शेजराच फोडिल्लो लखाटो पडिल्लो. गुलाबी रंगाच्या कागदाचे देगेर पाचव्या रंगाची फुलांची वाल छापिल्ली. दारांतल्यानूच वांटकुळींच अक्षरां आनी वेवस्थीत बरयिल्ल्यो वळी स्पश्ट दिश्टी पडटाल्यो. वेंकटेशाक पळयतकूच श्रीनिवासान दोन- तीन पानांचें तें पत्र बंद केलें आनी ताचें स्वागत केलें. 'येयात, येयात, वेंकटेशबाब. हांगा हाचेपयलीं केन्नाच आयले नात.'

श्रीनिवास आनी वेंकटेश दोगूय एकेच पिरायेचे. पयलीं एकमेकांकडेन उलयतासतना एकवचनानूच उलयताले. आतां एकवचन वापरपाक श्रीनिवासाक मुरवत कशी दिसूंक लागली.

'कितें करतलों सायबा, मंत्र्याचो चलो, बस लायनींचो धनी, पाळेगारांचो नातू, गरिबांनीं तुका सोदीत येवपाक जाय.' अशें म्हूण वेंकटेश कदेलाचेर बसलो. एकमेकांची वासपूस करतकूच वेंकटेशान म्हणलें, 'तावरेकेरेचे दुकानदार इतले सुवार्थी जाल्यात म्हूण सांगू. तेखातीर हेफावटी तुमकूरांतल्यानूच सामान व्हरपाखातीर म्हूण आयलों. वीस शाब्बाचे बार, एक लात तेल, पन्नास शेर तोरी दाळ, आनीक खूब कितें चिटयेंत बरोवन हाडलां. तूं मोटारींचो धनी. खंयच्याय दुकानांतल्यान कमी दरांत सामान घेवन दिता?'

'म्हाका दुकानदारांची वळखूच ना.'

'असलो कसलो बिझिनेस करता तूं? हांव तुजेरूच आदन दवरून आयिल्लों.'

'म्हजो जंय संबंदूच येना, थंय हांव कित्याक वचूं? जाय जाल्यार क्लार्काक तुजेवांगडा धाडटां. आनीक मात्शा वेळान तो येवपाचोच जाला. तुका बऱ्या दुकानांत व्हरतलो.'

'बरें, आनीक कितें खबर?'

'तुमीच सांगात.' अशें श्रीनिवासान म्हणलें.

'सगळो गांव तुजेविशींच उलयता. खरी धिटाय दाखयली सायबा तुवें.'

'कित्याक?'

'आयजवेर कोणेंच केलें ना तें काम तूं करून दाखयता. बापूय मंत्री आसून लेगीत ताची मुरवत दवरली ना. पाळेगारांचें रगत अशें आसपाक जाय. शिंवाचोच पोर तो!'

श्रीनिवासाक अभिमान दिसलो आनी ताणें म्हणलें, 'मागीर तातूंत कितें चुकलें?'

'चूक कसली? तूं करता तातूंत कसलीच चूक ना. पूण हांव मात संकटांत सापडलां.' अशें वेंकटेशान म्हणलें.

'कित्याक?' श्रीनिवासान विचारलें.

'हें पळय, तुमी कॉलेज पास जाल्ले. हांव इंटरमिजियटाकूच नापास जाल्लों. तुमचेभाशेन हांव तितलो सुदाल्लों ना. जेन्ना तुगेलें आनी सत्याचें लग्न जावपाचें थारिल्लें तेन्ना तें म्हाका आवडूंक नाशिल्लें. ताचे उपरांत खूब घडणुको जावन गेल्यो. तुगेली बायल मेली. आमगेलो अप्पा मेलो. जालें तें जावन गेलें. आतां तुमी दोगांय लग्न जातात जाल्यार जायात. बेंगळूरांत जावं नाजाल्यार तुमकूरांत बंगलो बांदून रावात. गांवांत आमच्या वांगडा रावले नाजाल्यार जालें. अशें म्हूण हांव ताका मान्य जाल्लों. हांव फट सांगना. शंबरांतले सोळा आणे लेगीत मान्य नाशिल्लें. आतांय मान्य ना. बारा आणे तयार जालों. कित्याक? तूं पाळेगाराचो चलो म्हणल्यार क्षत्रिय. तुगेलो आजोय हेंच सांगता. तशें पळोवंक गेल्यार ब्राह्मणांत आनी क्षत्रियांमदीं व्हडलोसो फरक ना. पूण सत्यान क्षत्रिय भुरग्याक न्हयकार दिवन मूर्खाभशेन मांग चल्याकडेन लग्न जावपाचें थारायलां. जाल्यार कशें सहन करपाचें?'

'कितें म्हणटात तुमी? खरें?' - अशें श्रीनिवासान उद्विग्न जावन विचारलें.

'हांव खरें सांगता. हांव तुजेकडेन लग्न जावपाच्या विरोधांत आशिल्लों. अशें आसतना, ताका मान्यताय दितां? तूं क्षत्रिय, पाळेगार घराण्यांतलो. मांग काय न्हय! तुगेलो रंग खंय आनी तागेलो रंग खंय! तुगेली बुदवंतकाय कितली आनी तागेली कितली? तुगेलें रुप आनी संस्कार आनी तागेलें रुप आनी

संस्कार. कसलेच बाबतींत तुळा करपाक जाता? बशीचो धनी म्हूण तुगेलें स्थान आनी तागेलें जोत्याचें दुकान, आयिल्ल्या-गेल्ल्यांच्या पांयांक हात लावन वेपार करप हें तागेलें स्थान? हांव तुकाच भावोजी मानपाक तयार नाशिल्लों आनी ताका कसो मानतलों?'

'हांव लग्नूच जावचें ना अशें म्हणिल्लें सत्यान!'

'तुका मार्गाक लायलेबगर ताचेकडेन लग्न जालें जाल्यार तूं ओगी रावचो ना हें ताकाय खबर आशिल्लें. म्हणुनूच अशें म्हणलें ताणें. तुका मोहनदासापरस कमी दाखोवपाचें आशिल्लें म्हूण सत्यान अशें केलां आसतलें. म्हाका तातूंत पडपाचें ना. तुजें, ताचें आनी त्या मांगाचें नशीब. पूण म्हजें समाजातलें स्थान, म्हजो मान?'

श्रीनिवास ओग्गी बशिल्लो. दोन मिणटांनी मन थाऱ्यार येतकूच ताणें म्हणलें, 'हें खरें?'

'आमी गांवात रावतात. तो मांग सत्याच्या भाटांतल्या घरांत कितले फावटी येता-वता तें आमकांच खबर. म्हाका गांवांत तकली वयर काडून भोंवपाक मेळना. तें आसूं. म्हाका कितें करपाचें आसा तें घेवन! आमगेल्या बापायनूच ताका विंगडूच वांटो काडून दवरला. मर्दीं वंय लेगीत घाली ना. ती एक घालून उडयतां. म्हज्या वांट्याक आयिल्ल्या भाटांत तुळशीचे रोंपे आसात. त्या मांगाची सावळी ताचेर पडून देवापुजेची तुळस अपवित्र जावची ना हाचेकडेन लक्ष दितलों. तुगेलो कारकून कितल्या वरांचेर येता? म्हाका वेळ जालो.' अशें म्हूण तो थंयच्यान उठलो.

'बसात. ताकतीक कसली?' श्रीनिवासान वयलेवयर म्हणलें.

'गांवांत वचपाक जाय. एकलोंच हांव. शेता-भाटाचेर लेगीत म्हाकाच नदर दवरची पडटा.'

'बसात. बसात.' - अशें म्हणत श्रीनिवासान रुमाचें दार बंद करून खिळी घाली. वेंकटेशाच्या म्हऱ्यांत कदेलाचेर बसून ताणें म्हणलें, 'ही बुद्द सत्याक कशी आयली?'

'मोग म्हणटात तो असो. वेवस्थीत चल्लो जाल्यार मोग. आड वाटेन गेल्यार ताचें रुपांतर द्वेशांत जाता. असलो प्रकार आमगेल्या खेड्यांत जायते फावटीं पळयला. तूंच सांग, कोणूय मांग चलयेकडेन लग्न जातलो? सत्या म्हणटा, पयलीं वसिष्ठांनीं केलें ना? ताणें इतिहासाचो अभ्यास केला आसतलो. पूण ते ब्रह्मर्षी आशिल्ले हें कशें विसरूंक जाता? कसलोय चांडाळ तांचे म्हऱ्यांत

आयल्यार ताका शुद्ध करून घेवपाची शक्त आशिल्ली तांचेभितर! तांगेलें उदाहरण दिवन तुमी तशें केल्यार कशें जातलें?'

'आतां सत्याक कितें करपाचें? तुमीच सांगात.'

'तें व्हडल्या भावाचें आयकतालें जाल्यार, मांगाकडेन जावंनाका, मंत्र्याच्या चल्याकडेन लग्न जा म्हूण सांगतलों आशिल्लों. म्हजें कोण आयकता? तूं आयकता?'

'आयकल्यार कितें करतले आशिल्ले?'

'आतां आयकून कांयच फायदो जावपाचो ना. कित्याक म्हणल्यार ते बेट्टय्याचे चलयेची भेट जावचे पयलीं म्हाका विचारिल्लें जाल्यार कितेंय करपाक जातालें. मोग म्हणल्यार तसोच. तेखातीर म्हणटात तो कुड्डो आसता म्हूण. तूं बेट्टय्याचे चलयेकडेनूच लग्न जा. सत्याक तागेल्या चल्याकडेन लग्न जावं दी. मागीर तो मांग आनी तूं एकमेकांच्या खांद्यार हात घालून मेवणो-भावोजी म्हणत भोंवपाक वचात. तुगेले ट्रक कशेय आसात. तागेल्या दुकानांतल्यो व्हाणो भरून भरून सर्विस कर.'

कितें उलोवचें तें कळना जावन श्रीनिवास ओग्गी बसलो.

'म्हाका वेळ जाता. तुगेलो कारकून आयला जाल्यार पळयतां. मात्सो राव.' अशें म्हूण वेंकटेशान उठून दार उक्तें करून भायल्या ऑफिसांत पळयलें. दार बंद आशिल्लें. तो येवंक नाशिल्लो. तूंच येता म्हज्या वांगडा? अशें वेंकटेशान विचारलें. श्रीनिवास कांयच उलयलो ना. मान सकयल घालून बसलो. 'बाजारांत वचून हांवूच सोदतां. तुजेसारकेल्या राजकुमाराचेर अवलंबून रावल्यार आमगेलीं गरिबांचीं कामां जावचीं नात.' अशें म्हूण घडी केल्ली साका पोती आनी पोन्नेलीं पुडवीं घेवन थंयच्यान भायर सरलो. कांय अंतराचेर पावतकूच 'घराकडेन आनीक चार-पांच म्हयने पावपासारकें सामान आसा आनी आतांच कित्याक आनीक घेवन वचून सांठोवन दवरपाक जाय?' असो विचार ताच्या मनांत आयलो. पूण रित्या हातान गेल्यार गांवांत कोणाकूय दुबाव येत म्हूण तो बाजारांतल्या एका दुकानांत भितर सरलो.

## 4

श्रीनिवासाच्या मनांत तुळा करपाक सुरवात जाली. त्या मांगापरस हांव कमी दर्जाचो? आपलो आनी ताचो पयलींसावन संपर्कूच नाशिल्लो. एकाच रस्त्याचेर पलतडी तागेलें दुकान आसा. हेवटेन म्हजें ऑफीस. केन्नाकेन्नाय तो

रस्त्यावयल्यान वतना दिश्टी पडटा. पूण एकूय दीस एकमेकांकडेन उलयले नात. तो बापायभाशेन न्हय. म्हाअंहकारी. ताणें चेहऱ्याक वजन पेलपाक जायना इतल्यो व्हडल्यो मिश्यो वाडयल्यात.

हांवेंय इतिहास वाचला. हे म्हार-मांग म्हणल्यार कोण? सदांच गांवाभायर खोंप बांदून रावपी, मेल्ल्या गोरवांचें मांस खावन सोरो पिवन पडपी मनशां. आतां सरकारान तांकां घरां बांदून दिल्यांत. स्कॉलरशीप लेगीत मेळटा. म्हूणच ह्या मोहनदासा सारकेल्याची कूरकूर चलता. म्हूण तो म्हजी बराबरी करपाक शकता? बराबरी न्हय. म्हजेपरसूय श्रेश्ठ जावंक शकता?

सकाळीं उठून श्रीनिवास खाड करपाक हारशामुखार बसलो. शेव्हींग क्रीम खूब लावन नवी ब्लेड घेवन ताणें तुकतुकीत खाड केलें. आपलो चेहरो हारशांत पळयतनाच ताका मोहनदासाचो चेहरो दोळ्यांमुखार आयलो. मनांत तुळा सुरू जाली. आपलें लांब नाक, पातळ भुवंयो, दोळे, पोले, कान, रंग कसलो, आनी हेवटेन त्या मांगाचो कुरूप चेहरो, चेहरो भरिल्लो आसलो तरी रंग काळो. रेड्यांभाशेन दोळे, उंचायेप्रमाण आंगलोट भरिल्लो आसलो तरी रेड्याभाशेन दिसतालो. तकलेचेर शिंगां ना इतलोच फरक. तागेले कान कशे आसात म्हूण कोण जाणा. आसतले ताका सोबसारके. रेड्याभाशेन. वा फाटल्यान ओडून बांदल्यात आसतले. इतलें आसतना सत्या ताचेकडेन लग्न जावपाक कशें तयार जालें? म्हजेर राग आशिल्लो जाल्यार शेंवटून गाळी मारपाच्यो. म्हाका जाय ती ख्यास्त दिवपाचो अधिकार ताका आसा. पूण म्हजेपरस सगळेच बाबतींत उणाक आशिल्ल्या त्या मांगाबराबर हें लग्न जावपाचें नीच काम करपाचें? खाड करून जातकूच पोले आनी खाडकेचेर शाब्बाचे दाग सुकून गेले तरी ते धुयनासतना श्रीनिवास हारशांत पळयत बशिल्लो.

लग्न जाता जाल्यार जावं. चामान्न खंयचें अशें म्हूण श्रीनिवासान आपलें समाधान करून घेतलें. तो उठलो आनी रेझर, ब्रश, ब्लेड धुवन पुसली. तोंड धुलें आनी न्हालो. कपडे बदलून हॉटेलांत वचून खाण खावन बसस्टँडार गेलो. एजंट तिकेट दिताले. क्लीनर व्हडल्यान बशीच्या प्रवासाचो रस्तो, मर्दी लागपी ल्हान-व्हडले गांवाची नांवां घेवन आड्डी मारतालो. अर्द वरांनूच त्या वातावरणाची श्रीनिवासाक उबगण आयली. परतो कॉफी पिवपाखातीर तो स्टँडावयल्या हॉटेलांत गेलो. बस धनी, मंत्र्याचो चलो केन्ना येवपी न्हय. ताका आयिल्लो पळोवन उडुपि हॉटेलच्या मालकान ताचें स्वागत केलें. कदेलार बसचे पयलीं मुखावयल्या व्हडल्या हारशाकडेन ताजें लक्ष गेलें. आकर्शक दोळे, नाक, भुवयो, पोले, देखणो चेहरो. शेजराच काळ्यारंगाचो, मोठ्या मिशांचो,

रेड्यावरी दोळे, मोठे नाक आशिल्लो मोहनदास. कान आनी शिगां मात स्पश्ट दिसनाशिल्लीं. पूण लक्ष दिवन पळयल्यार हय, दिसतात. रेडोच तो. नाजाल्यार तागेले जातींत मारम्माच्या उत्सवांत रेड्याकूच कित्याक मारतात? रेडो म्हणल्यार मांग. म्हाका खबर आसा ती काणी, अशें म्हणून तो कदेलार बसून कॉफी पिलो.

तितले म्हणसर दोन बशी गेल्ल्यो. आनीक उरिल्ल्या बशींचीं सिटां भरून मदलो जागोय प्रवाशांनी गच्च भरिल्लो. खाजगी बशी एका कोनशाक आनी सरकारी बशी मदल्या भागांत आशिल्ल्यो. त्यो हुपून श्रीनिवास आपल्या रुमार आयलो. वचून सत्याकूच वचून विचारचेंशें दिसलें. ताणें रोखडोच ट्रंकांतल्यान फिकट हळडुवो रंगाचो सिल्क शर्ट, टेरीवुलाचें पँट घालून, काळो डिझायन आशिल्लो गुलाबी रंगाचो टाय बांदलो. पांयात मेय आनी बूट घाले आनी रूमाच्या दाराक कुलप घालून मोटार चलोवन गेलो.

बारा वरांच्या सुमाराक मोटार भाटाचे वंयेकडेन थांबोवन सत्याच्या घराकडेन वतना तुपाचो वास येतालो. आनीक म्हऱ्यांत पावतकीच सत्याचे मंत्र ताच्या कानार पडले. तो दारांत उबो रावलो. सत्या मंत्र म्हणत एका लाकडाच्या कुलेरान अग्नींत तूप ओतयतालें. सत्यान वळोवंक नाशिल्ल्या केंसाची गांठ मारून, कपलाचेर सुक्या कुकमाचो तिबो लायिल्लो. ताणें आंगार चुरिल्ली साडी आनी पोल्क घाल्लें. तातुंतल्यान जानवें दिसतालें. सावळी दिसतकूच ताणें वळून पळयलें. कुरवेन सत्यान ताका भितर येवन बसपाक सांगलें. बूट हुमरा भायर काडून दवरून पांयातले मेय काडिनासतना भितर येवन कोनशाक कवळून दवरिल्ली शेंदरी पातळावन ताचेर बसलो. इतलो मंत्र-तंत्र करपी हें चली मांगाकडेन लग्न जातलें?

अग्निप्रदक्षिणा काडून भुंवयामदीं बिबुतीचें बोट लावन सत्यान म्हणलें, 'तूंय बिबूत लावन घे. खूब तेंपान आयला, कितें जालें?'

'सत्या, हांव तुका एक प्रस्न स्पश्ट विचारूंक आयलां.' श्रीनिवासान म्हणलें.

'कसलें राजकारण सायबा? मीरा रागार-फुगार जालां काय कितें?'

'फकाणां नाका. तूं मोहनदासाकडेन लग्न जातलें काय ना तें स्पश्ट सांग.'

'कित्याक?' सत्यान म्हणलें.

'म्हाका तसो दुबाव मारला.'

सत्या गंभीर जालें. हाच्या मनांत हो दुबाव कित्याक आयलो असो प्रस्न उप्रासलो आनी ताचेर तें विचार करीत बसलें. श्रीनिवासान म्हणलें, 'तूं जाप दिना. म्हणल्यार हाचो अर्थ तूं लग्न जातलें असो जालो.'

'पळय, तो विचार म्हज्या मनांत आयलो ना. जाय जाल्यार तुगेलो सोपूत घेवन सांगतां. समज, म्हज्या मनांत केन्नाय तसो विचार आयलोच जाल्यार तातूंत कितें चुकलें?' अशें सत्यान म्हणलें.

'म्हणल्यार तूं लग्न जाता तर!'

'हांवें, 'एकाद्रें' अशें म्हणलां. कितें चुकलें तातूंत? म्हजें आनी तुजें लग्न जावप शक्यूच ना. तशें पळोवंक गेल्यार तुका बरी बायल मेळटा. तूं सुखांत राव. म्हजो लग्न जावपाचो विचारूच ना.'

'तुजी लायकी म्हाका कळ्ळी.' अशें म्हणत श्रीनिवासान भायर येवन पांयात बूट घाले.

'असो ताकतिकेन आयलो. आनी अशें कितेंय बडबडून वता. कितें जालां तुका? राव.' अशें म्हूण सत्या थंयच्यान उठलें.

'हलकट रांड तूं.' अशें म्हणत बुटांची लेसी बांदून श्रीनिवास सडसडीत भायर सरलो. तें लकवो मारिल्लेवरी तशेंच उबें रावलें.

श्रीनिवास वंयेच्या दाराकडेन पावलो तेन्ना थंय ताका मुखावयल्यान मोहनदास येतना दिसलो. तो सत्याच्या घराकडेन येतालो. मोहनदासानूच जाप दिली : 'नमस्कार, दोनफावटी तुमगेल्या ऑफिसांत आयिल्लों. तुमी नाशिल्ले. हांगा केन्ना आयिल्ले?'

श्रीनिवास कांयच उलयलो ना. मोहनदासानूच, 'येयात, सुमार अर्दवर भितर वचून बसून उलोवया.' अशें म्हणलें. पूण श्रीनिवासान कानामनार घेतलें ना आनी भायर वचून मोटार स्टार्ट केली. अजापीत जावन मोहनदास एक मिनीट ताका पळयत रावलो आनी मागीर भितर गेलो.

परतो तुमकूरांत वतना श्रीनिवासाच्या मनांत प्रस्नचिन्न उरूंक नाशिल्लें. हांवें विचारिल्ल्या प्रस्नाक सत्यान सामकी नकारार्थी जाप दिवंक नाशिल्ली. वयल्यान 'तातूंत कसली चूक?' म्हणलें. तो हांगा आतऱ्या पयऱ्यान येता. तेखातीर तांचेभितर मोग बरेभाशेन वाडला. पयलीं हांवें ताका निराश केल्लें हें सत. म्हूण हांव ह्या मांगापरस कमी दर्जाचों?

तकलेंत भितर सरिल्ल्या, 'मांगापरस कमी दर्जाचो?' ह्या प्रस्नान ताका रातीं न्हिदपाक दिलें ना. दोन दिसांत तो पिसो कसो जालो. जेवण आवडना जालें. तिसऱ्या दिसा मीराकडल्यान आनीक एक पत्र आयलें. हे फावटी तांबड्या फुलांचें चित्र आशिल्ल्या पाचव्या कागदाचेर पत्र बरयिल्लें. त्या तीन पानाच्या पत्रामदीं मीरान एक फोटो धाडिल्लो. त्या दोगांयनी फाटल्या सप्तकांत बेंगळूरांतल्या एका स्टुडियोंत काडून घेतिल्ल्या फोटवाची एक प्रत आशिल्ली.

श्रीनिवासान सूट घाल्लो. मीराच्या दोनूय कानांतल्यो वज्राच्यो वेड्यो स्पश्ट दिसताल्यो. ताणेंच दोन हजार रुपया खर्च करून त्यो ताका करून दिल्ल्यो. तेच उमेदीन मीराक स्टुडियोंत घेवन वचून ताणेंच तो फोटो काडपाक लायिल्लो. तागेल्या गळ्यांत घाल्लो पांच पोडांचो हार लेगीत स्पश्ट दिसतालो.

फोटो पळयतनाच श्रीनिवासाक सत्याची याद जाली. तागेलें मन सत्याची आनी मीराची तुळा करपाक लागलें. शूद्र बायलांवरी काम करून सत्याचे हात खरखरीत जाल्यात. बायलांक एक नाजूकसाण आसता, ती ताचेभितर नाशिल्ली. सत्याचो रंग मुळांतूच काळो. वता-वाऱ्याक भोंवन आनीकूय काळो जाल्लो. पोले पडल्यात. पूण मीराचो हात कितलो मोव. तागेले पोले गुबगुबीत. कशे आकर्शीत करतात. तागेले काळेकिट्ट केंस, विणी सगळें सोबीत आसून लेगीत तागेलें मन मात सत्याच्याच यादींत घुटमळटालें. अशें कितें आसा सत्याभितर? शिक्षण, हुशारी? मीरालेगीत हुशार आसा. चार वर्सां आनीक शिकलें जाल्यार सत्याचे बरोबरीचें जातलें. पूण त्या शिक्षणाक हांव म्हत्व दिना. सत्यांत नाशिल्लें स्त्रीत्व, नाजुकसाण मीराभितर आसा. मीरा कुमुदिनीभाशेन आसा - मागीर म्हजें मन परती सत्याचीच कित्याक याद काडटा? सत्याक विसरपाक जमता जाल्यार मोहनदासाकूय विसरपाक जातलें. पूण श्रीनिवासाक सत्याक विसरपाक जमनाशिल्लें. दीस-रात तो न्हिदनासतना तळमळटालो.

## 5

मुखा-मुखार भेट जावन, आपणें पयलीं जाप दिवन लेगीत कांयच जाप दिनासतना गेल्ल्या श्रीनिवासाक पळोवन मोहनदासाक अजाप तर दिसलेंच, तेभायर वायटूय दिसलें. हाचे पयलीं तो श्रीनिवासाकडेन केन्नाच उलोवंक नाशिल्लो. सत्यान वाद घाल्लो म्हूण तो मीराचें श्रीनिवासाकडेन लग्न करून दिवपाक तयार जाल्लो. आपूण स्वता तागेल्या बस सर्व्हिसच्या ऑफिसांत दोन फावटी वचून आयिल्लो. पूण दोनूय फावटी दोगांयची भेट जावंक नाशिल्ली.

घरांत येवन पळयत जाल्यार सत्या सुन्न जावन बशिल्लें. श्रीनिवास आनी सत्यामदीं कसलीं तरी उलोवणीं जाल्यांत हें समजुपाक व्हडलीशी तकालस घेवची पडली ना. कितें जालें हें विचारपाक कशी सुरवात करपाची हें ताकाय कळ्ळें ना. सत्यालेगीत 'येतां' अशें सांगून रांदचे कुडींत गेलें आनी चुलीवयल्या आयदनांत पळोवंक लागलें.

मोहनदास भायले कुडींत बशिल्लेकडल्यान म्हणपाक लागलो, 'तुमगेल्या पुस्तकान खूब व्हडलें काम केलें. हातूंत सुचयिल्लो उपाय बेसबरो आसा. आमी तशेंच करपाक जाय म्हूण आमगेल्या जातींतल्या खूब लोकांनी पत्रां बरयल्यांत. कितलेतरी लोक आमगेल्या संघाचे मेंबर जाल्यात. आतां आमगेल्या प्लॅनाक एक स्पश्ट रुप दिलां आमी.'

'तें कशें?' सत्यान रांदचे कुडींतल्यानूच विचारलें.

'आनीक एका म्हयन्यान दसऱ्याची सुटी सुरू जातली. तेन्ना आमचे जातींतल्या विद्यार्थ्यांक एक पंगड करून प्रत्येक गांवातल्या देवळांत घेवन वचपाचें. वीस दीस सुटी आसता. तांकां विंगड कांयच काम ना. सकाळ-सांजवेळ पुजा करपाच्या वेळार देवळांत वचपाचें. नाल्ल-फळां-फुलां उजवात्यो घेवन वचपाचें आनी पुजा सोंपसर थंयच उबें रावपाचें. म्हणल्यार जाय जाल्यार वयल्या जातींतल्या लोकांनी आमच्या वांगडा देवळांत येवपाक जाता. नाजाल्यार तांणी भायर उबे रावल्यार जाता.'

'प्लॅन बरो आसा. पूण गांवच्या लोकांनी बोवाळ केल्यार? मारामारी केल्यार? संख्येचे नदरेन पळोवपाक गेल्यार तुमची संख्या कमी आसा.'

'तोच विचार चलला. आतां अशें करपाचें. सरकार आनी स्वताक आधुनिक म्हणोवन घेवपी असेंब्ली मेंबर हातूंत कितली मजत करतले तें पळयतले आनी तेखातीर चळवळूय करतले. फाल्यां तें दिसाळ्यांचेर येतलें. दोन दिसाळ्यांनी हाचो प्रचार करतले म्हूण वचन दिलां. फाल्यां आमगेलें एक प्रतिनिधी-मंडळ मुख्यमंत्र्यांची भेट घेतलें. त्या दिसा हांगा आयिल्ले ते नरसय्या हाचे मुखेली. हांव आयज रातीं तुमकूरांत पावन फाल्यां णवमेरेन तांकां बेंगळूरांत वचून मेळटलों.'

'तुगेलो बापूय कितें म्हणटा?'

'आमगेलो अप्पा मेलेबगर आमी मुखार वचचे नात. आमगेले लोक लेगीत तागेलें आयकतात. म्हजे असल्याचें कांयच आयकनात. ते म्हणटात, 'तशें केल्यार बोवाळ जातलो, मारामारी जातली, शांततायेन रावपाक जाय.' तुमी तांकां आमकां तेंको दिवपाक सांगतात?'

'ते म्हगेलें आयकतले?'

'लग्नाच्या संबंधांत तांणी तुमगेलें आयकलें ना? तुमकां ते गुरुसमान मानतात.'

'कित्याक? ब्राह्मण म्हूण?'

'आसूंक शकता. पूण तुमी म्हगेल्योय गुरूच.'

'म्हाका फटीचे अधिकार नाकात. तुमगेलें काम तुमी करात.' अशें म्हूण सत्यान चुलींतलो उजो कमी केलो.

'सत्या, खऱ्यांनीच सांगता हांव...' हें आयकून सत्याक अजाप दिसलें. आयजमेरेन ताणें केन्नाच ताका फकत नांवान उलो मारूंक नाशिल्लो. ह्या गरज नाशिल्ल्या संबोधना फाटलो भाव सत्याच्या रोखडोच लक्षांत आयलो. फाटोफाट कांय वेळापयलीं येवन गेल्ल्या श्रीनिवासाची सत्याक तीव्रतेन याद जाली.

मोहनदासान म्हणलें, '... खरें सांगतां. फाल्यांसावन हांव खऱ्या अर्थान कामाक सुरवात करतलों. खरे क्रांतीची सुरवात. प्रत्येक देवळांत प्रवेशावेळार आमकां पुलिसांची राखण जाय अशी आमी मुख्यमंत्र्याकडेन विनवणी करतले. ते न्हयकार दिवंक शकचे नात. नाजाल्यार आमी दिसाळ्यांतल्यान प्रचार करतले. दसरो जायसर सदां देवळांत प्रवेश करत रावतले. ताचेउपरांत लेगीत तातूंत खंड पडपाक दिवचे नात. आमगेल्या जातींतल्या लोकांमदीं खऱ्या अर्थान बदल जावपाक सुरवात जातली. गांवांत प्रत्येक हरिजन कुटुंबान सकाळ-सांज देवळांत वचून एक दोनवरां भितर रावन उजवात्यो लावन येवंक जाय असो निश्चेव करतले. वयल्या जातींतल्या लोकांनी मोन्यांनी मान्यताय दिली जाल्यार बरें आसा. पूण ते मान्य करचे नात. तेन्ना आमी खरो क्रांतीचोच मार्ग आपणायतले. आमगेल्या लोकांक खुबळावपाचें हें पयलें काम. हातूंत आमी खून करपाक शकतात, उजो लावपाक शकतात. कितें जाय तें करपाक शकतात. फाल्यां हे क्रांतीचो पयलो दीस. ताचेपयलीं तुमकां मेळून वचचेंशें दिसलें. फाल्यां बेंगळूराक वचपाचें आसतना गांवांत येवपाक वेळ खंय आशिल्लो? तरिकूय तुका मेळपाक आयलों हांव, सत्या.'

सत्या कांयच उलयलें ना. रांदप जालें तरी खंयचे तरी दोन तोप काडून तें घासूंक लागलें. मोहनदास सुमार धा मिणटां ओग्गी बसून आशिल्लो. उपरांत ताणें म्हणलें, 'एका सप्तकापयलींच हांवें अप्पाजींक फाल्यां मुख्यमंत्र्याक मेळूंक वतां म्हूण सांगिल्लें. ते आमगेल्या मार्गाकूय विरोध करतात. तुमी तांकां सांगतात? आमगेल्या जातींतल्या असेंब्ली मेंबरापैकीं दोग जाणांनी आमकां तेंको दिला. आनीक चौगजणांनी तेंको दिल्यार आमगेलें बळ वाडटलें. अप्पाजी एकले जरी आमच्या वांगडा आयले जाल्यार लेगीत खूब बरें जातलें.'

'हांव जाल्यार तुमगेल्या घराकडेन येवन बापायकडेन उलयतां. पूण तुगेली खून, लासप, मारामारी करपी क्रांती म्हाका निखालस मान्य ना. तुमगेल्या

बापायचो सभाव म्हाका खबर आसा. तुमची शीम कितलेमेरेन वचपाची आसा हें म्हाका कळ्ळें जाल्यार तांचेकडेन चर्चा करपाक सोपें जातलें.'

'फाल्यां ते आमच्या वांगडा मुख्यमंत्र्याक मेळ्ळे आनी पुलिसांच्या मजतीविशीं उलयले जाल्यार तितलेंच पुरो. नाजाल्यार भौशीक शांततायेचो भंग जातलो असलें कारण सोदून काडून मंत्री पळवाट काडटले.'

'इतलेंच आसा जाल्यार हांव तांचेकडेन उतर घालतां.'

रांदप तयार आशिल्लें. पूण 'जेवन वच' म्हणचेंशें ताका दिसलें ना. आयच्या दिसा दोन फावटी नकळत व्यक्त जाल्ले भावनेक स्फूर्त दिवपाची सत्याची इत्सा नाशिल्ली. दनपारच्या वेळार 'हात धुवन पानार बसात.' अशें म्हणपांत खास कांयच अर्थ ना. पूण मोहनदासाच्या मनांत परतो तोच अर्थ उत्पन्न जातलो अशें ताच्या मनान सुचयलें. म्हूण सत्यान भायर येवन म्हणलें, 'आतां एक वर जालां. तीनाक सुमार तुमगेल्या घराकडेन आयल्यार जाता?'

'पांच वरांचेर हांगाच्यान वचपी निमाणी बस आसा. जर ते तयार आसात जाल्यार तुमकूरच्यान रातोरात टॅक्सीन बेंगळूराक वचपाक जाता.'

'तशें जाल्यार हांव अर्दवरान भायर सरतां.'

'बरें' अशें म्हणत तो थंयच्यान गेलो.

## 6

चार पत्रां बरयलीं तरी श्रीनिवासाकडल्यान जाप मेळ्ळी ना. पयलीं तीन-चार दिसांतल्यान एकफावटी मेळपाक येवपी श्रीनिवास पंद्रस जाली तरी मीराक मेळपाक आयलो ना. मीरा भियेलें. तागेली भलायकी बरी नासतली. ताका मेळ्ळेबगर दीस वचप सोडूच, एक वर वचप लेगीत मीराक कुस्तार जावंक लागलें. वांगडा काडिल्ल्या फोटवाची प्रत पुस्तकाच्या पानामदीं दवरून ताका पळयत तें बशिल्लें. तागेली भलायकीच बरी नासतली. नाजाल्यार तांकां तरी इतले दीस म्हाका मेळनासतना कशें रावंक जातलें आशिल्लें? तुमकूरांत वचून येवप ताका योग्य कशें दिसूंक लागलें. 'फाल्यां सकाळीं न्हावन, खावन-जेवन कॉलेजींत वचपाच्या वेळार बस-स्टँडार वतलें' अशें येवजून तें न्हिदलें.

दुसऱ्या दिसा तें वचपाक तयार जालें. रेशमी साडी न्हेसून, श्रीनिवासाक आवडटा तसली विणी घाली. तागेलें रुममेट पयलींच थंयच्यान गेल्लें. आपणें धाडिल्लो फोटो पावला काय कोण जाणा असो विचार करून ताणें आपलेकडेन आशिल्ली फोटोची प्रत पर्सींत दवरली. इतल्यांत सकाळचें टपाल आयलें.

तागेल्या नांवार एक लखाटो आयिल्लो. श्रीनिवासाचें पत्र आशिल्लें. पत्त्यावयल्या वळखीच्या अक्षरावयल्यान तर तागलेंच म्हूण खात्री पटली. मीरान बेगबेगीन लखाटो फोडलो आनी तातुंतलें पत्र वाचूंक लागलें. पत्र वाचतकूच तागेल्या दोळ्यांकडेन काळोख आयलो. पत्र तिनूच वाक्याचें आशिल्लें. 'म्हाका विसर. हांव तुजेकडेन लग्न जावंक शकना. मरसर हांव एकलोच रावतलों.' हें ताणें बरयलें ना असो विचार करून तें मात्शें सुद्दीर आयलें. पूण अक्षर तागेलेंच आशिल्लें.

हीं अक्षरां मात्शीं घसटून बरयल्यांत. पयलींचीं दोन पत्रां काडून ताची तुळा केली. अक्षर तागेलेंच.

तकली भेरेल्लेवरी जावन ताका कांयच येवजलें ना. पांच मिणटां सून्न अवस्थेंत बसून रावलें. उपरांत ताका भितरल्यान रडूंक येवपाक लागलें. उशाची चिरी ओली जाली. तशें तांणी कित्याक बरयलें हाचो विचार करपाकूच येवजना इतली तकली सुन्न जाल्ली. परतें परतें रडूंक येतालें. व्हडल्यान आवाज रुमाभायर वचचो न्हय म्हूण दार धांपून खिळी लेगीत घालून परतें परतें रडटालें. धा मिणटां रडपाचें थांबनाशिल्लें. उपरांत अर्द-पावूण वर सुन्न अवस्थेंत वतालें. मागीर परतें पयलींपरस चड वेगान हुंदके दिवपाक सुरवात जाताली. परतें आपलें तोंड उशाभितर लिपयतालें.

सांजवेळां पांच वरांचेर रूममेटान दाराचेर मारतकीच मीरान खिळी काडली. मीराचो सुजिल्लो आनी तांबडोगुल्ल जाल्लो चेहरो पळोवन पार्वती भियेलें. ताणें मीराचो हात धरून विचारलें, 'कितें जालें गो?' खाटीचेर सोडोवन दवरिल्ल्या श्रीनिवासाच्या पत्राकडेन बोट दाखोवन मीरा परतें एकफावटी दोळ्यांत दुकां हाडून रडलें. पार्वतीक मीराचें सगळें प्रकरण खबर आशिल्लें. बी.एस.सी. वर्गांत शिकपी पार्वती गौडा समाजांतलें आशिल्लें. आमगेल्या जातींतलो चलो, तोवूय मंत्र्याचो चलो मीराकडेन लग्न जाता हाचो पार्वतीक खूब आनंद जाल्लो. हेर चलयो मात मीराकडेन वागतना तें हरिजन म्हूण ताचेकडेन अंतर दवरताल्यो. पूण पार्वती मात तशें करिनाशिल्लें. पार्वतीन स्वता मीराक विचारून ताका आपलें रूममेट केल्लें. श्रीनिवासाचें पत्र वाचून तेंवूय अजापित जावन ताच्या तोंडातल्यान जाप सुटना जाली. 'कित्याक अशें बरयलां हांणी? घरच्या लोकांनीं न्हयकार दिलो काय?' अशे प्रस्न तें मीराकूच विचारपाक लागलें. ह्या प्रस्नांनी मीराची बुद्द मात्शी काम करपाक लागली.

'आवय-बापायन हयकार दिवप शक्यूच ना. रजिस्टर लग्न करुंया अशें तांणीच म्हणिल्लें. म्हज्या मनांत मंत्रोक्त लग्न जावपाचें आशिल्लें. तांणी म्हाका

सांगिल्लें, बापायक पत्र बरोवन कळीत करतां. पयलीं ते तापतले. मागीर जाग्यार आयल्यार बरें जालें. नाजाल्यार रजिस्टरूच लग्न जावंया. मंत्र- बिंत्र जायजाल्यार, तें शास्त्र मागीर करुंया.'

'तशें जाल्यार बापायन बळजबरी केल्या आसतली. तांगेलें मन बदलायलें आसतलें.' अशें पार्वतीन म्हणलें.

'बापायन बळजबरी केल्या आसतली हें खरें. पूण तांगेलें मन बदलतलें हाचेर म्हजो विस्वास बसना. तें अशक्य.'

'अशक्य आसा अशें कशें म्हणटा?'

'तेखातीर म्हगेल्या मनाची साक्ष म्हाका पुरो.' अशें म्हणटना मीराक परतें रडपाक आयलें आनी ताणें तकली उशाक तेंकयली.

'रडूंनाका. हाचेर कसलोतरी उपाय सांपडटलो.' अशें म्हणून पार्वतीन ताचे फाटीवयल्यान हात भोंवडायलो.

मीरा रातचें जेवलें ना. पार्वतीन खूब आग्रो केलो तरी मीरान आयकून घेतलें ना. रातीं हांतुणार न्हिदपाक वतकीच पार्वतीन म्हणलें, 'म्हाका दिसता, फाल्यां सकाळीं तूं तुमकूरांत वचपाचें आनी तांकांच विचारपाचें अशें कित्याक बरयलां म्हूण. कसलेतरी निर्शेल्ले अवस्थेंत तांणी हें पत्र बरयलें आसपाक जाय. तुका पळयतकूच तांगेलो तो मूड वतलो. जाय जाल्यार तांकांच हांगा घेवन यो.'

हो पार्वतीचो विचार मीराकूय पटलो. तेप्रमाण मीरान सकाळीं पयले बशीन वचपाचें थारायलें. रातभर तागेल्या दोळ्याक दोळो लागलो ना. सकाळीं पांच वरांचेर उठून ताणें तोंड धुलें. आनी वचपाक भायर सरलें. कालच्याच न्हेशिल्ल्या कपड्यांत वचपाक भायर सरिल्लें. तें पळोवन पार्वतीन म्हणलें, 'अशें वचपाक जायना. बरी दुसरी साडी न्हेस, केंस वळोवन कपलाक कुकूम लाय.'

'म्हाका कांयच नाका -'

'पिशा. हें पळय, तुका खूब दुख्ख भोगता, भंय दिसता हें सामकें खरें. तशें म्हूण दादल्यामुखार हे असले कसलेतरी कपडे घालून वचप न्हय. हांव सांगतां तशें आयक.' अशें म्हूण ताणेंच मीराच्या ट्रंकांतली श्रीनिवासानूच दिल्ली क्रीम रंगाची साडी आनी ताका सोबसारको ब्लावज काडून मीराच्या हातांत दिलो. पार्वतीनूच तागेले केंस वळोवन एक विणी घाली. बसस्टँडार मीरावांगडा येवन, थंय एक फुलां फांती विकती घेवन मीराचे विणयेचेर माळत पार्वतीन म्हणलें, 'हांवूच येतलें आशिल्लें. पूण हांव आयलें जाल्यार तुगेल्या

कामाक कसलीच मजत जावची ना. आतां तूं सारकें वैजयंतीमालावरीच दिसता. अशें आसतना वांगडा दुसरो कोणूच आसपाक जायना. तुका पळयना फुडें तुगेलो भावी घोव' हावें तुका पत्र बरयलें, म्हजें चुकलेंच. सॉरी. हाचेमुखार तूं सांगता तें आयकतलों. 'अशें म्हणटलो. वचून यो.' अशें म्हूण ताका बशींत बसयलें.

रिझर्वेशन नाशिल्लें तरिकूय पयले एक्सप्रेस बशींत मीराक बसूंक जागो मेळ्ळो. आतां ताका लेगीत पार्वतीचें मत पटलें. कसल्यातरी मुडांत आसतना तांणी हें पत्र बरयलां ह्या विचारान तागेल्या मनाक बरीच धिटाय आयली. तेखातीर मीरा मिनटा-मिनटाक जिखपाची इत्सा मनांत बाळगून अजूनमेरेन तुमकूर कितल्या मैलांचेर आसा, पावपाक कितलीं मिणटां उरल्यांत हाचो हिशोब करतालें. सकाळीं आपूण बसस्टँडार आसतां अशें ताणेंच मीराक सांगिल्लें. साडेआठ वरांचेर तुमकूरांत पावतकूच तें खाजगी बशी उब्यो रावतात त्या जाग्यार गेलें. एस्.एस्.एम्.एस्. बोर्ड आशिल्ल्या एके बशीकडेन वचून ताणें कंडक्टराकडेन चवकशी केली, 'श्रीनिवास गौडा खंय आसात?'

'रुमांत न्हिदल्यात.' अशें सांगून ताचेकडेन उत्सुकतायेन पळोवपाक लागलो. ताचेकडेन लक्ष दिनासतना तें स्टँडालागसार आशिल्ल्या ऑफिसाकडेन गेलें. ताणें ऑफिस पळयिल्लें. थंयच भितल्लेवटेन पाचव्या दाराची तागेली कूड आशिल्ल्याचें मीराक ताणेंच सांगिल्लें. पाचव्या दारावयले धवे सरपळेचें वर्णनूय ताणेंच सांगिल्लें. तें तशेंच कुडीच्या दाराकडेन गेलें. भितरल्यान खिळी घाल्लेवरी दिसताली. ताणें एक फावट दारार मारलें. भितरल्यान कांयच जाप आयलीना. ताणें परतें दारार मारलें. कांय वेळ रावन मीरान परतें नेटान स-सात फावटी दाराचेर मारलें. भितरल्यान कोणेतरी विचारलें, 'कोण?' 'हांव' - मीरान म्हणलें. एका मिनटान ताणें दार उक्तें केलें. तें रोखडेंच भितर गेलें. जनेलां सगळीं धांपिल्लीं. भायल्यान भितर आयिल्ल्यान भितर कांयच दिसलें ना. कोंडिल्लो वास मात नाकांत झोमलो. अर्द मिनटांत नदर भितरल्या वातावरणांत रुळ्ळी. दारांतल्यान भितर येवपी उजवाडांतल्यान धांपिल्लीं जनेलां दिश्टी पडटालीं. ताणें दोनूय जनेलां उक्तीं केलीं. खाटीर बशिल्ल्या श्रीनिवासाचे दोळे उजवाडांत बारीक जाले. तागेले खाटी म्हऱ्यांत एक मेज आशिल्लें. त्या मेजाचेर एक बाटली दवरिल्ली. एक पेलो. आनीक एक उदकाचो तांबयो. बाटलेवयल्या भांगराळ्या लेबलाचेर छापिल्लीं अक्षरां मीराक सारकीं दिसलीं ना. लागीं वचून तीं अक्षरां ताणे वाचलीं, 'व्हिस्की'. तो सोऱ्याचे घुंवळेंत आसा हें तागेल्या चेहऱ्यावेल्यान दिसतालें. खाड करून दोन-तीन दीस जाल्या

आसतले. दोळे आयिल्ल्यावरी तागेले दोळे तांबडे जावन एकामेकांक तेंकिल्ले. ताच्या म्हच्यांत गेल्यार सोऱ्या घाणी येताल्यो. तें खांब्याभशेन हालचाल करिनासतना उबें राविल्लें. श्रीनिवासान म्हणलें, 'तूंच आयलें?'

तागेलो उलोवण्याचेर ताबो नाशिल्लो तरी शब्दाचे उच्चार समजताले. मीरा हरिजन वसतेंत ल्हानाचें व्हड जाल्ल्यान ताका सोरो, ताचो प्रताप आनी बेबद्याचें उलोवप, वागप हाचेविशीं जाणविकाय आशिल्ली. सोरो ह्या प्रकाराविशीं मीराच्या मनांत द्वेश आनी किळस आशिल्ली तरी हेर वयल्या जातींतल्या मध्यम वर्गीय बायलांमदीं आसपी भंय ताचेभितर नाशिल्लो. मीराच्या बापायन केन्नाच सोऱ्याक हात लावंक नाशिल्लो. पूण आपलो भाव केन्नाय घेता हें ताका खबर आशिल्लें. पूण केन्नाच प्रत्यक्ष पळयलें ना. बियर, व्हिस्की असलीं नांवां बेंगळूरातल्या हॉस्टेलांत चलयो उलयतात तें आयकल्लें. बियर खूब हलकी, व्हिस्की खूब कडक. आह! कशी कीक येता म्हूण सांगूं. असलीं उतरां कानार पडटालीं. स्वता पिनासतना कांय चलयो, आमी धीरवान म्हूण दाखोवपाखातीर तशो उलयताल्यो हें मीराक खबर आशिल्लें. कांय जाण एकेक फावट बारांत वचून येतात तें उलयतासतना आयकल्लें.

'यो. बस.' - श्रीनिवासान दोनूय हात पसरावन ताका म्हणलें.

मीरान दार बंद केलें आनी वयर खिळी घाली. आनी तागेले खाटीर एका कोनशाक बसलें. घाण वास कशेयभाशेन सहन करून मीरान तागेलो हात धरलो. आनी मागीर विचारलें, 'अशें कित्याक केलें?'

'कितें केलें?'

आतां रोखडोच पत्राचो विशय काडचो काय ना ह्या विचारांत मीरा पडलें.

'जें सांगपाचें आसा तें रोखडेंच सांग.' अशें म्हणून ताणें हुकूम सोडिल्लेवरी नदरेन ताका पळोवपाक लागलो.

आपल्या दाव्या हाताच्या मनगटांत हुमकळायिल्ले पर्सींतल्यान मीरान पाकीट काडलें. आनी तातुंतलें पत्र श्रीनिवासाच्या मुखार दवरलें.

'तें कितें?' ताणें परतें विचारलें.

'तुमीच वाचात.' मीरान म्हणलें.

'तूंच वाचून सांग. प्रोपरायटर केन्नाच आपूण स्वता वाचना.'

मीरान हातांत पत्र घेवन, 'म्हाका विसरून वच. हांव तुजेकडेन लग्न जावपाक शकचों ना. मरसर एकलोच रावतलों. अशें कित्याक बरयलें?' अशें विचारलें.

'कोणाक बरयलां?'

'म्हाका.'

'तूं कोण?'

तागेली बुद्द पुरायेन कामांतल्यान गेल्या हें मीराक खबर आसून लेगीत ताणें म्हणलें, 'मीरा.'

'म्हणल्यार?'

'हांगा पळयात. हें तें.' - अशें म्हूण पर्सींतल्यान फोटोची प्रत काडून ताका दाखयली. ताणें तो हातांत घेवन पळयलो. 'वा. हा. हा. सुंदर. वज्राच्यो वेडी कशो दिसतात पळय! एक न्हय तुका चार हार घालूंक जाय. केंसात स हात लांबायेचो गजरो माळून ताचेंच उशें करपाक जाय.'

मीराक उमेद जाली. आपल्याचेर तागेलो मोग पयलींभशेनूच आसा. अशें ताका दिसलें. ताणें फोटो कुशीक काडून दवरलो आनी तागेलो हात धरून म्हऱ्यांत ओडलो. 'यो, मजा करया यो. अशें कित्याक कोनशाक बसलां? राव, जनेल धापतां.' अशें म्हूण थंयच्यान उठलो.

तागेलीं उतरां आयकून ताका किळस आयली. मीरान म्हणलें, 'तुमगेली तकली थाऱ्यार ना. कितें उलयतात तुमी?' 'बेसबरी आसा. तूं मजा मारपाखातीरूच आसा. तुका जाय तितले दागिने करून दितां. त्या ब्राह्मणान मातंगीक दोन हजार रुपये दिल्यात खंय! हांवें तर तुका दोन हजाराच्यो वेडीच करून दिल्यात. एस्.एस्.एम्.एस् प्रोप्रायटर, पाळेगाराचो चलो, आतां वज्राखड्यांची कांकणांच करून दितां यो.' अशें म्हूण मीराक खांद्याक धरून ओडलें.

मीरान ताका फाटल्यान धुकलून खाटीर न्हिदयलो. आनी तें उठून जनेलाकडेन वचून उबें रावलें. ताका कोणेतरी अंतस्करण चिरून उडयिल्लेवरी जालें. ते अशें उलोवंक शकतात? अशें मीराक दिसलें.

तें परतें भितर आयलें. मेजाचेर दवरिल्लो तांबयो घेवन ताणें उदक ताच्या कपलार आठ-धा वेळा थापलें. परतें आनी एक फावटी ताणें उदक माथ्यार थापलें. तो मोन्यांनी तसोच बसलो. तिसरे फावटी उदक घालतना ताणें विचारलें, 'म्हाका घुंवळ येता म्हूण उदक मारता?'

'ही वायट संवय कशी लागली तुमकां? आतां ओग्गी न्हिदात. असलीं बुरशीं उतरां उलोवंनाकात. तुमी कितें उलयतात तें तुमकांच खबर ना.'

'खबर आसा. हांगा येवन बस.' तागेलो हात धरून श्रीनिवासान म्हणलें. तें ताच्या म्हऱ्यांत बसलें आनी खाटीर दवरिल्लो तुवालो घेतलो तांबयातलो उदकांत भिजयलो ताणे ताचो चेरो, मान आनी गळो पुसूंक लागलें. तो कितेंतरी

उलोवंक सोदतालो. पूण तकलेंतले विचार नाजावन तकली रिती जाल्ल्यान मोन्यांनी वांशांक पळयत तसोच खाटीर पडून रावलो. दोन मिणटांनी श्रीनिवासान सावकासायेन दोळे धांपले. न्हीद आयिल्लेवरी न्हिदलो. मीरा तागेलो चेहरोच पळयतालें. मदीं च भानार येतकूच मीरान घड्याळ पळयलें. साडेणव वरां जाल्लीं. मदीं उठून पिलो नाजाल्यार दनपरां दोन-तीन वरांचेर शुद्धीर येतलो अशें मीराक दिसलें. पूण अकस्मात ताच्या मनांत वेगळोच विचार आयलो. आपणें हांगा बसप योग्य न्हय. एक खीण लेगीत रावप न्ही. फाटोफाट ताका रडपाकूय आयलें. ताका जाग येवची न्हय म्हूण ताणें पदर तोंडात कोंबलो तरीकूय रडपाचो आवाज भायर येवपाक लागलो. दोळे धांपिल्लेकडेन ताणें म्हणलें, 'अरुंधती, कित्याक रडटा? नवो आश्रम बांदतलों, पूण तुका सोडचों ना -'

मन घट करून मीरान रडप आवरलें. दोळे पुसून ताणें पर्स उखल्ली. तागेल्या पांयाकडेन पडिल्लें तागेलें पत्र आनी फोटोय ताणे पर्सींत घालो आनी ताणें दाराची खिळी काडली. ताणें दोळे धांपूनच उलो मारलो, 'खंय वता? यो-' मीरान दार आड केलें आनी रस्त्यार आयलें. त्याच रस्त्याचेर कांय अंतराचेर तागेल्या भावाचें दुकान आशिल्ल्याची ताका याद जाली. पूण मीराक थंय वचपाची इत्सा नाशिल्ली. ल्हवूच पावलां मारीत तें बसस्टँडार आयलें. सरकारी बसस्टँडा म्हऱ्यांत येवन ताणें वचून विचारतकूच कळ्ळें : साडेइकरामेरेन बेंगळूरांत वचपी खंयचीय बस ना. वाट पळयत तें तशेंच फातराच्या बांकाचेर बसलें. त्याचवेळार बसस्टँडाचे दावे वटेन एके खाजगी बशीचो एजंट आड्डी मारतालो. 'यारीं, गुब्बी, यडेनहळ्ळी, तिम्मसंद्र, नागनूरू, रकूकसनहळ्ळी, तावरेकेरे, तिरुमलापूर, शिवगेरे, तिपटूर -' तिरुमलापूर म्हणटकूच मीराक सत्याची याद जाली. तें उठलें आनी ते बशींत बसलें.

पंदरा मिणटांत बस सुटली. ते बशींत तिरुमलापूरांतले सात-आठ प्रवाशी आशिल्ले. मिडलस्कुलांत शिकयतना तागेली गांवांतल्या खूब जाणांकडेन वळख जाल्ली. पूण गजाली करपासारकी वळख नाशिल्ली. आपलेंशें आपूण तें ओग्गी बायलांच्या सिटार बसलें. पूण ते सगळे ताकाच पळयताले. हेर बायलांय ताका पळयतालीं. आपल्या आनी श्रीनिवासाच्या लग्नाची खबर गांवभर जाल्ल्यान ते आपल्याकडेन पळयतात हें ताच्या लक्षांत आयलें. हे गांवांतले लोक हाची खोलाय नकळो आनी तांकां ती कळप शक्यूय ना, असो विचार करून तें जनेलांतल्यान भायर पळोवपाक लागलें. बस वचपाक लागतकूच ताका झेम येवपाक लागली. काल रातभर ताका न्हीद लागली ना आनी ताच्या फाटल्या

कारणांची यादूय ताका जाली. रडपाक येवंक लागलें. पूण गांवचे इतले लोक पळयतात म्हणटकीच ताका रडप योग्य दिसलें ना. दोळ्यांत धुल्ल गेल्ल्याचें निमित्त करून ताणें दोळे पदरान पुसले. जनेलांतल्यान दिसपी झाडांक तें पळयत रावलें.

## 7

दनपरां दोन वरांचेर बसस्टँडार देंवतकूच तें आपल्या घराकडेन गेलें ना. तें नीट सत्याच्या भाटाकडेन गेलें. हांत-पांय आंग सगळें गळगळीत जाल्लें. कशेयभाशेन तें आपलें आंग ओडून ताणून सत्याच्या घराकडेन पावलें. तेन्ना सत्या निकतेंच जेविल्लें. आनी उरिल्लें अन्न काडून धांपून दवरतालें. हवन कुंडांतलो उजो पालोवन थंय गोबोर जाल्लो. मीराक पळयतकूच सत्या भियेलें.

'हें कितें मीरा? कितें जालें?' अशें सत्यान विचारलें.

मीरान आपले पर्सीतलें पत्र काडून सत्याच्या मुखार धरलें. तें पत्र वाचतकूच सत्याच्या तोंडातल्यान जाप सुटना जाली. कांय वेळान ताणें विचारलें, 'हें पत्र केन्ना आयलें?'

'काल सकाळीं.'

'ताका मेळ्ळें तूं?'

'आतां तुमकूरांतल्यानूच आयलां.'

'कितें म्हणलें ताणें? अशें कित्याक बरयलें खंय?'

सगळी खरी गजाल विस्तारान सांगपाचे नदरेन मीरा याद करपाक लागलें. पूण तागेली तकली आतां रिती जाल्ली. कितें सांगपाचें तें ताका येवजलें ना. कांय खीण तें याद करपाखातीर मनांतल्यान धडपडलें आनी म्हणलें, 'हांव मात्सो वेळ न्हिदून उठ्ठां. उपरांत सांगतां.'

'रांदप तयार आसा. जेवन घे. तुवें सकाळसावन कांय खालें ना तें म्हाका खबर आसा.'

'हांव कांय खायना, म्हाका एक शेंदरी दियात.'

पूण सत्यान ताका सोडलें ना. मीरा सामकें न्हिदेक आयिल्लें. ताणें चड वाद घालो ना. सत्यान कालोवन हाडिल्ल्या शितांतले अर्दें शीत मीरान सारकें चाबनासतना गिळ्ळें. तितले म्हणसर सत्यान मदले कुडींत शेंदरी, पांगरूण आनी उशें दवरून हांतूण तयार केल्लें. मीरान हात धुतकूच सत्यान ताका हातुंणाचेर व्हरून न्हिदयलें. तकली उशाक तेंकयना फुडें ताका गाड न्हीद

लागली. उजवी कूस करून तें न्हिदिल्लें. तागेले विणयेचेर पार्वतीन माळिल्लो गजरो टवटवीत आशिल्लो. तें न्हिदिल्लेकडेन उदारें जाल्यार केंसातल्यो पिनो तोंपतल्यो ह्या विचारान सत्यान तागेल्या केंसातल्यो पिनो सोदून काडून शेजरा दवरल्यो. विणयेक सुतान बांदिल्लो गजरो लेगीत ल्हवूच सोडोवन काडलो. तागेल्या गळ्यांतल्या हाराकडेन सत्याचें लक्ष गेलें. तें त्या हाराक वळखलें. कानांतल्यो वज्राच्यो वेड्यो कोणे केल्यात हाचेविशीं जाणून घेवपाची उत्सुकताय ताच्या मनांत जाली. मीराची पर्स भायर आसा हाची सत्याक याद जाली. पर्स भितर हाडटना ताणें पळयलें, पर्सींचें तोंड उक्तेंच आशिल्लें. भितर आशिल्लो फोटो सत्याक दिश्टी पडलो. मीराच्यो कानांतल्यो वेडी फोट्यांत लेगीत स्पश्ट वळखुपाक येताल्यो. फोट्याच्या फाटल्यान बेंगळूर स्टुडियोचो शिक्को आशिल्लो. वेडी श्रीनिवासानूच करून दिल्यात आसतल्यो अशी सत्याची खात्री जाली. पूण ताणें अशें कित्याक बरयलां आसतलें? मीरा तुमकूरांत वचून ताका मेळ्ळुनूच आयलां. म्हणल्यार ताचेकडेन उलोवन कांयच फायदो जालोना. श्रीनिवासान मीराक कितें सांगलां आसतलें? कितें कारण सांगलां आसतलें? कितें घडलां हें सांगचें पयलींच तें न्हिदलें. तें न्हिदून उठ्ठकूच ताका विचारपाक जातलें अशें दिसलें. तरी सत्याच्या मनांत विंगड-विंगड विचार येत आशिल्ले. श्रीनिवासाच्या बापायचेंच काम आसतलें हें. त्यावेळार जशीं केल्लीं तशींच कसलींतरी नाडपेन्नां आताय ताणींच केल्यात आसतलीं. कशेंय करून हांव हें कार्य पुराय करतलेंच. हे निश्पाप चलयेक वाऱ्यार सोडपाची संद दिवचें ना.

मीराक गाड न्हीद लागिल्ली. सत्या ते कुडीचें दार आड करून रांदचेकुडींत गेलें. घांसपाचीं आयदनां एकठांय करून कुंडाच्या देगेर एका माडा पोंदा बसून तीं घांसलीं. उपरांत रांदनींतलो गोबोर काडून रांदन निवळ केली आनी रातच्या रांदपाची तयारी करून दवरली. कामां जातकूच तें भायर आंगणांत येवन ओग्गी बसलें. श्रीनिवासान अशें कित्याक केलें? होच प्रस्न ताचे तकलेक त्रास दिवपाक लागलो. सत्यान ल्हवूच दार काडलें आनी मीराच्या हांतुणाकडेन येवन बसलें. मीरा कूस परतिनासतना उजवे कुशींत न्हिदिल्लें. 'ताका सुशेगाद न्हिदूं दी.' अशें म्हूण सत्या परतें थंयच्यान उठलें. आपणें गावातलें देवूळ, ताचो बांद, गांवचो किल्लो, तळ्याविशीं बरोवन दवरिल्ले टिपणाचे कागद हातांत घेतले. हें तळें कोणे बांदलें, हाचेविशीं ल्हानपणांत आयकल्ल्यो तीन विंगड विंगड कथा ताणें बरोवन दवरिल्ल्यो. ताचे उपरांत आपल्याक कितें करपाक जाय हाचें टिपण सत्यान एका विंगड कागदाचेर याद जाता तशी मांडणी करून दवरिल्लें. प्राध्यापकांक आपल्या उद्देशाविशीं एक पत्र बरोवपाक जाय. ताणें कागद मुखार

ओडलो आनी बरोवपाक सुरवात केली. 'आदरणीय प्राध्यापक महोदय,' अशें बरयलें. पूण मुखार कितें बरोवपाचें तें ताका सुचलें ना. श्रीनिवासान अशें कित्याक केलें, होच प्रस्न परतो परतो त्रास दिवपाक लागलो. सगळे कागद सत्यान परते जाग्यार दवरले. पेन ताचेर दवरून तें परतें भायर आयलें. कुंडाकडेन धा मिणटां भोंवताडो काडून परतें कुडींत वचून मीराच्या हांतुणाम्हऱ्यांत वचून बसलें. कूस परतिनासतना मीरा तशेंच न्हिदिल्लें. सत्या मीराच्या चेहऱ्याकडेन पळयत रावलें.

अकस्मात मीराच्या चेहऱ्याचेर कांय भाव उमटले. कितेंतरी उलोवपाखातीर तागेले ओंठ हालपाक लागले. भुंवयो एकमेकां लागीं हाडल्यो. रडपाक आयिल्लेवरी तागेले पोले जाले. अकस्मात कितेंतरी विपरीत घडिल्लें आसतलें अशेतरेन तें सट्‌करून उठून बसलें. ताणें दोळे उक्ते करून सत्याकडेन पळयलें. ताच्या चेहऱ्याचेर कसलेच भाव उमटूंक नाशिल्ले. सत्यान तागेलो हात धरलो आनी ताका परतें न्हिदयत म्हणलें, 'न्हीद. कित्याक उठलें? आनीक मात्सोवेळ सुशेगाद न्हीद.' मीरा परते दोळे धांपून हातूणाचेर न्हिदलें. पूण न्हीद लागली ना हें चेहऱ्यावेल्यान दिसून येतालें दोन मिणटांत ताणें कूस बदल्ली. उपरांत एका मिनटान उठून बसलें. 'कित्याक उठलें?' सत्यान विचारलें.

'भंय दिशिल्ल्यावरी जालो.'

'भिवपाची गरज ना. न्हीद.'

'न्हीद येना.'

'तशें जाल्यार थंड उदकान तोंड धुवन यो. तुका बरें दिसतलें. मागीर उलोवंया.'

'थंड उदकान तोंड धुवपाक हांव कितें पिलां?'

'अशें कित्याक म्हणटा? तोंड धुवन घे. हांव कॉफी करतां.'

मीरान दोळे उक्ते करून भोंवतणी पळयलें. आतां सारकी जाग आयिल्ली हें तागेल्या चेहऱ्यावयल्यान दिसून येतालें. 'कितें जालें तुमकूरांत?' अशें विचारतकूच ताच्या दोळ्यांतल्यान दुकां आयलीं. सत्यान ताका आपले वेंगेंत घेतलें. एक फावट रडून समाधान जातकूच. सत्यान मीराक कुंडाकडेन घेवन गेलें आनी ताणें तागेलें तोंड धुलें. आनी परतें हाताक धरून रांदचेकुडीचें दारांत बसयलें. रांदनीर कॉफीखातीर उदक दवरलें. हातांत लाकूड घेवन उजो सारको करपाक लागलें. तुमकूरांत घडिल्ली गजाल मीरान याद करून सविस्तर तश्शी सांगली.

रातीं सत्यान हुनहुनीत रांदप केलें. आग्रो करून मीराकूय जेवपाक लायलें. घरांत दोन हातुणां नाशिल्लीं. 'एक शेंदरी पुरो' अशें मीरान म्हणलें. पूण सत्यान ताका आपल्या हांतुणाचेर न्हिदयलें. आनी मीराचो हात धरून ताका सांगलें, 'चड विचार करनाका. सुशेगाद न्हीद. फाल्यां सकाळीं हांव पयले बशीन तुमकूरांत वचून येता. तू हांगाच राव. खंयच वचनाका.'

'कित्याक वतात तुमी?'

'पिवन तागेली तकली इबाडल्या. हें वेसन कशें लावन घेतलें विचारुंक जाय. हांव ताका हांगा घेवन येतलें.'

## 8

सकाळीं साडे धा वरांचेर सत्या पावलें तेन्ना श्रीनिवास रुमांत खाटीचेर बशिल्लो. पिवंक नाशिल्लो. पूण पयल्या दिसा रातीं पिल्ल्यान चेहऱ्याचेर एके तरेचें मोनेंपण दिसतालें. दोळे धवेच आशिल्ले. निकतेंच खाड केल्लो चेहरो देंविल्लेवरी दिसतालो. सत्यान भितर पावल दवरतकूच श्रीनिवासान ताचेकडेन प्रस्नार्थक चेहऱ्यान पळयलें. 'यो, बस' - अशें म्हणलें ना. सत्याच एका कदेलाचेर बसलें. कितलोतरी वेळ तो जनेलांतल्यान भायर पळयत बशिल्लो.

सत्यानूच सुरवात केली. 'काल मीरा हांगा आयिल्लें खंय.'

'हं' - अशें श्रीनिवासान म्हणलें.

'तुवें ताका कितें म्हणलें?'

'कितें म्हणलें?' याद करत ताणें सत्याक प्रस्न विचारलो.

'सोऱ्या घुंवळेंत आशिल्लो, म्हूण तुका आतां ताची याद जावची ना. आतां तो विशय नाका. तुवें हें पत्र कित्याक बरयलें?' तागेलें पत्र पिशवेंतल्यान काडून ताच्या मुखार धरलें.

ताणें वाचलें. कांय खीण तागेलो चेहरो पडिल्लेवरी जालो, उपरांत आत्मविस्वासान ताणें विचारलें, 'हांवें ताका बरयिल्लें? तुजेकडेन हें पत्र कशें पावलें?'

'हें पत्र तुवें ताका कित्याक बरयलें म्हूण विचारपाक आयलां. काल हेंच विचारपाखातीर तें हांगा आयिल्लें. तेन्ना तुवें ताका कितें कितें म्हणलें.' अशें म्हूण तें परतें कदेलाचेर बसलें.

श्रीनिवास एक मिनीट कितेंतरी येवजीत ओग्गी रावलो. उपरांत सत्याकडेन वळून आपलो निमाणो निर्णय सांगिल्लेवरी म्हणूंक लागलो, 'हें पत्र हांवें बरयलां

आनी काल मीरा हांगा आयिल्लें हाची याद आसा म्हाका. पूण हांवें ताका कितें म्हणलें हाची याद जायना. याद करुनूय कांयच फरक पडपाचो ना. ह्या पत्रांत बरयला तोच निमाणो निर्णय म्हजो.'

'तशें म्हणल्यार कशें जातलें? जापसालदारकेची जाणविकाय दवरून तूं हें उलयता?'

'म्हाका विचारपाचो तुका कसलो अधिकार?' अशें श्रीनिवासान म्हणलें.

'तुजेर अधिकार गाजोवपाक हांव हांगा येवंक ना. कोणाचेर कोणे अधिकार गाजोवपाचो तार्चे म्हाका पडून गेल्लें ना. तुवें तुगेल्या संकल्पशक्तिचो, वीलूपावराचो सोपूत घेतला. तुगेल्याच सोपुताचो अधिकार तुजेर आसा. आतां अकस्मात तुवें उतर तोडलें जाल्यार ताची कितें गत?'

'कितें गत?' ताणें परतें सत्याकूच विचारलें.

'तूंच विचार कर.' सत्यान म्हणलें.

'म्हाका कांयच सांगूनाका. तूं विचार कर. ती तुगेलीच जापसालदारकी. आतां तूं हांगाच्यान उठून वच.' अशें म्हूण श्रीनिवासान दाराकडेन हात दाखयलो.

'तुज्या म्हऱ्यांत भीक मागपाक आयलें ना. ते चलयेवांगडा इतली मजा करून, भोंवन-हेडून आतां फाटीं सरता?'

'प्लीज गॅट्‌ आवट्‌' अशें म्हूण तो उबो रावलो.

पासिंयेंस वगडावपाक जायना म्हूण तें शांततायेन बसलें. तोच पांयांत जोतें घालून भायर सरून गेलो. दारामेरेन येवन उलो मारल्यार लेगीत फाटल्यान वळून पळयलें ना. दोनवरां तें वाट पळयत बसलें. तो परतलो ना. तेंच उठून शेजरा आशिल्ल्या ऑफिसांत गेलें. कारकून बसून हिशोब बरयतालो. थंय सत्यान चवकशी केली तेन्ना ताणें सांगलें, 'तांगेलें तशें कांय सांगपाक जायना. मोटार घेवन गेल्यात. बेंगळूरांत गेल्यात दिसता. नाजाल्यार आनीक खंयतरी गेल्यात आसतले.' तो वतना चलुनूच रस्त्यावयल्यान तेवटेन गेल्लो. ताचे उपरांत तें भितर येवन बसलें. हाचे मदीं तो केन्ना येवन मोटार घेवन गेलो हेंच सत्याक कळ्ळें ना. आतां हांगा बसून कसलोच फायदो ना. गांवांत वचपाक जाय. मीरा एकलेंच वाट पळयत बसतलें. फुडलो कसलो तरी विचार करपाक जाय - अशें म्हूण आपली पिशवी घेवन, 'रुमाक कुलप लायात' म्हूण कारकूनाक सांगून भायर सरून आयलें. दुकानांत वचून मोहनदासाक मेळचें असो विचार आयलो. पूण ताचेपयलीं मीराकडेन उलोवपाक जाय. मोहनदास तापट सभावाचो. रागाभरशीं कितेंय करतलो. श्रीनिवासाक जाग्यार हाडपाचो विचार आमी

दोगांयनी शांततायेन करपाक जाय असो निश्चेव करून सत्या नीट बसस्टँडार आयलें.

सांजवेळां स वरांचेर गांवांत पावलें. भाटांत वतकूच मीरा कुंडाचे धडेर बशिल्लें दिसलें. गेल्लेकडेन कामाचें कितें जालें, मीरान विचारलें ना. सत्यानूच,' 'कितें खालें दिसभरांत?' अशें विचारलें. 'म्हाका कांयच नाका' - मीरान म्हणलें. सत्यान भितर वचून पळयलें. मीरान आयदनां घासून वेवस्थित मांडिल्लीं. जमीन धुवन ताचेर रांगोळी घाल्ली. पूण मीरान कांयच रांदूंक नाशिल्लें. सकाळीं नोकरान हाडून दिल्लें दूद लेगीत तापयलेंना आनी पिलेंय ना. हवन-कुंडाची सगळी तयारी ताणें करून दवरिल्ली. फाटल्या गोठ्यांतलीं सारकेच लांबायेचीं लाकडां लेगीत हाडून मीरान हवन कुंडा म्हऱ्यांत दवरिल्लीं. हवन-कुंडा भोंवतणीं सान्न मारून, धुवन ताचेर काडिल्ली रांगोळी उठून दिसताली.

'कित्याक असो उपास केलो? कितें तरी करून खावपाचें न्हय?'

'म्हाका भूक लागूंक नाशिल्ली. तुमी कितें खालें?'

'बस सुटचे पयलीं हांवें दोन वडे, दोन दोसा आनी कॉफी घेतिल्ली. आतां रांदप करूं?'

मीरा ओग्गी, शांत आशिल्लें. सकाळीं वतना मीराच्या चेहऱ्याचेर दिसपी दुख्ख आनी निर्शेवणी आतां दिस नाशिल्ली. दुख्खाक बांद घाला हें कळटालें. तरी शांतताय स्पश्ट उठून दिसताली. सत्यान कांयच उलयनासतना न्हावन रांदपाक सुरवात केली. मीरान सत्याक म्हणलें, 'हांवें हवनाची तयारी करून दवरल्या. तुमी अग्नी कार्य करात. हांव रांदपाचें काम करतां.' अग्नी पेटोवन वितळिल्लें तूप आनी दर्भ शेजरा दवरून सत्या मंत्र म्हणटालें. रांदचे कुडीच्या दाराकडेन बसून मीरा लक्ष दिवन उज्याकडेन पळयतालें. सगळें सोंपतकूच मीराच म्हऱ्यांत आयलें, बिबूत बोटांनी काडून कपलाक लायली.

दोगांय एकामेकांमुखार बसून जेवतना सत्यान विचारलें : 'तो तुका पत्र बरयतालो?'

'हय'

'तीं सगळीं पत्रां आसात?'

'हॉस्टेलांत ट्रंकांत आसात?'

''वांगडा तो फोटोलेगीत आसा. इतलें पुरो. तूं ताका मेळ, आनी सांग 'म्हजेकडेन अशे पुरावे आसात म्हूण. लग्न जावपाकूच जाय. नाजाल्यार हांव कोर्टांत केस घालतलें.' अशें सांग. तापोवंनाका. पासिंयेस पेड्डड्यार करून

घेवंनाका. शांततायेन सांग. पूण कोर्टांत वतलें हें मुजरत सांग. मोन्यांनी जाग्यार येतलो.''

'कोर्टांत वचपाक जाय जाल्यार आनीकूय पुरावे आसात -' अशें म्हणून मीरान मुरवतीन मान सकयल घाली.

'कितें? सांग.'

'कशें सांगूं? तुमी कितें समजतलीं?'

'कित्याक ? कितेंय... गडबड केली?'

'तशें कांय जालें ना. पूण चार फावटी आमी दोगांय नंदी हिल्सावयल्या ट्रॅव्हलर्स बंगल्यांत राविल्लीं. शिपायाकडेन एक रजिस्टर आसता न्हय. त्या रजिस्टरांत ताणें श्री. आनी सौ. श्रीनिवास अशी नांव नोंदणी केल्या. तेचबराबर एस्.एस्.मोटार सर्वीस प्रॉपरायटर, तुमकूर म्हूण पत्तोय बरयला. तेभायर म्हगेली रुममेट लेगीत साक्ष दितलें. ते अमूक अमूक मोटारीन म्हाका मेळपाक येताले.'

'तशें जाल्यार ब्रह्मांडांत गेल्यारलेगीत तो सुटपाक शकना. तशें जाल्यार पयलीं कोर्टांत वचपाक नाका. भेश्टायल्यार पुरो.' अशें सत्यान म्हणलें.

'तशें नाका.'

'कित्याक?'

'मोग म्हणल्यार धाक दाखोवन आनी भेश्टावन करपाक जाता? म्हाका अशें लग्न जावपाकूच नाका.'

'मोग ना अशें समजूंनाका. मदींच कितेंतरी जालां इतलेंच.'

'- तशें जाल्यार तुमी तुमकूरांत गेल्लेकडेन तें काम जालें ना तर! तांणी कितें म्हणलें?'

सत्या कांयच उलयलें ना. मीरान परतें आनीक एक फावट विचारतकूच सत्यान म्हणलें, 'आतां तो विशय नाका. हांव सांगता तें आयक. सगळें सारकें जातलें.'

अर्द पेलो उदक पिवन जातकूच मीरान शांततायेन म्हणलें, 'सकाळीं तुमी वतकीच हांव ताचोच विचार करतालें. तुमकां परतुपाक इतलो वेळ लागतलो अशें म्हाका दिसूंक नाशिल्लें. धा मिणटांत उलोवप सोंपोवन तुमी दुसरे बशीन भायर सरून येतलीं अशें दिशिल्लें.' सत्याक अजाप दिसलें. खरें म्हणल्यार उलोवणीं जाल्लीं तितलोच वेळ. तागेली वाट पळयत बशिल्ल्यान इतलो वेळ जाल्लो. मीरान मुखार म्हणलें, 'तुमी येतकीच हवन करतलीं म्हूण थंयचो भाग धुवन रांगोळी काडून दवरिल्लो. मुखार त्या खिळ्याक लायिल्ली चावी घेवन समिधा हाडून हांगा दवरल्यो. थंय बशिल्लें आसतना कालच्या उलोवण्याची

याद जाली. हरिजन वसतेंत वाडिल्ल्यान म्हाका पिवपी मनशाच्या मनाची कल्पना आसा. जें अंतर्मनांत आसता तेंच पितकूच जिबेर येता. काल जें तांणी म्हाका म्हणलें तें तांच्या अंतर्मनांत आशिल्लेंच. तांगेलो म्हजेर मात लेगीत मोग ना. तुमी लग्नाचें शास्त्र म्हणटात न्हय, 'धर्मेच अर्थेच कामेच' असो सोपूत घेतात म्हूण आयकलां. तसो मोग तांचो म्हजेर ना. जो आसा तो शारिरीक पातळेवयलो मोग. आमचे जातीचेर असलो मोग फाटल्या हजारांनी वर्सांसावन आसा. धर्म आनी अर्थ ह्या पांवड्यार तो केन्नाच नाशिल्लो. श्रीनिवासाकूय ना. धमकी दिवन, भेश्टावन तसो मोग जाता?'

सत्याक अजाप दिसलें. आपल्याक हो अर्थ समजलो ना. श्रीनिवासाच्या वागपाकडेन सत्यान ताचेमदीं आशिल्लो संकल्पशकतेचो अभाव वा ताचेर आशिल्लो तागेल्या बापायचो जबरदस्त प्रभाव हेच नदरेन पळयिल्लें. पूण मीरा ताचो सोद घेत सगळो इतिहास जाणून घेवंक सोदतालें. इतिहासाचे खोलायेचो सोद घेवपाची शोधक नदर हे चलयेभितर आसा हें सत्यान येवजूंक नाशिल्लें. तें बुदवंत आसा. गंभीरतायेन अध्ययन करपाची संवय आनी विचार करपाची प्रवृतीची मीराच्या आंगात कुवत आसा, हें सत्याक खबर आशिल्लें. पूण आपलो दुख्खाचो बिंदूच धरून ताच्या आदारान इतिहासाची समीक्षा करपाची बौद्धिकताय आनी तागेली शक्त हाचेविशीं सत्याक खबर नाशिल्लें. सत्या परतें कांयच उलयलें ना. मीरालेगीत ओग्गी आशिल्लें.

मीरा वेवस्थीत जेवलें ना. तरिकूय आदले रातीप्रमाण मीरान अन्नाविशीं अनास्था लेगीत दाखयली ना. सत्यानूय ताका आग्रो केलो ना. जेवण जातकूच उरिल्लें निवळ करून, दोगांयनीं आयदनां धुलीं. रांदन आजून हून आशिल्ली म्हूण ती निवळ करपाक गेलें ना. आदल्या दिसा न्हिदिल्लीं तशींच दोगांय एकाच हांतुणाचेर न्हिदलीं. सत्यान विचारलें, 'ताणें पयले फावटी विचारलें तेन्ना तुका तागेली पुराय जाणविकाय आशिल्ली. म्हणल्यार पयलीं तो म्हजेकडेन लग्न जाता म्हणटालो. उपरांत ताणे दुसरे चलयेकडेन लग्न केलें. तागेली बायल गुरवार आसतना मेली. म्हणल्यार तो पयलो वर नाशिल्लो. अशें आसतना तूं ताचेकडेन लग्न जावपाक कशें तयार जालें?'

'कशें सांगूं?'

'याद करून सांग. खरें कितें तें सांग.'

मीरा धा मिणटां ओग्गी रावलें. तें विचारांत बुडलां हें त्या काळखांत लेगीत सत्याक कळटालें. ताणें परतें म्हणलें, 'सांग.' तशें म्हणटकीच मीरान म्हणलें, 'मंत्र्याचो चलो वा अर्थीक थाटमाटाचें म्हाका काय आकर्शण नाशिल्लें.

म्हाका दिसता वयलै जातीचें आकर्शण मात आसतलें. आतां तुमी विचारतात म्हूण हांव विचार करून सांगता. तितलें एकूच कारण आशिल्लें काय आनीक कितें आशिल्लें?'

'मनांतल्यान हो वयलो सकयलो भेद तूं मानता?' अशें सत्यान विचारलें.

'जेमेरेन वयल्या जातींतले लोक आमकां आपलेभितर भरसून घेवचे नात तेमेरेन हो भेदभाव सोंपचो ना. उपदेश करप सोपें आसता. पूण मनाचे इत्सेपरस आनी खंयचेंय दुसरें सत ना.'

सत्यान दावे वटेन कूस केली आनी आपल्या उजव्या हातान ताचो हात घट धरून सत्यान ल्हवूच दामलो.

9

सकाळीं उठून तोंड धुतकूच मीरान विचारलें, 'बायलांक जानवें घालपाचो अधिकार आसा अशें तुमगेल्या अप्पान सांगिल्लें?'

'फकत सांगलें ना. तांणी म्हज्या गळ्यांत जानवें घालें.'

'म्हणल्यार आमचे जातींतल्या बायलांक लेगीत?'

'ही कसली नविदाद विचारता? शूद्रांक अधिकार न्हयकारपी तीन वयल्या जातींतल्यानी आपल्या बायलांक लेगीत हो अधिकार दिलोना. अशेतरेन तांणी आपल्या बायलांकूय शूद्र केलीं. हांव जानवें घालपाक शकतां जाल्यार तूं कित्याक घालूंक शकना?'

'तशें जाल्यार म्हाका जानवें घालता?'

सत्या अजापान मीराच्या चेहऱ्याकडेन पळयत रावलें. मीराचो चेहरो गंभीर दिसतालो.

'आतां कित्याक ही इत्सा मनांत निर्माण जाली?' अशें सत्यान विचारलें तेन्ना मीरान म्हणलें, 'कित्याक? जावची न्हय?'

'जांची इत्सा आसा तांकां केन्नाच ना म्हणपाक जायना. अप्पा मरचे पयलीं तांणी जानवीं हाडून दवरिल्लीं. तूं न्हावन घे. आनी काल जशें हवनकुंड तयार केल्लें तशें कर.' मीरान कुंडाचे धडेर बसून न्हावन घेतलें. मीराकडेन दुसरी साडी नाशिल्ली सत्यान दिल्ली अनवाळी साडी न्हेसून, आपले कपडे धुवन सुकत घाले. सत्याचें पोल्क, मीराचे मोठसाणेक लागून ताका घालपाक जालें ना म्हूण पदरान आंग धांपलें. जमीन धुली आनी हवनकुंड तयार केलें. भोंवतणीं रांगोळी काडली. समिधा हाडून दवरल्यो. सत्यानूय न्हावन घेतलें. बांदावयले दर्भ

हुमटून सत्यान दोन पवित्रो तयार केल्यो. पंचपात्रांत तूप घेवन सत्या जाग्यार बसलें. पयलीं संध्यावंदन करून उपरांत पवित्रा धारण करून ताणें होम घालो. उपरांत मीराक मुखार बसोवन 'यज्ञोपवीतं परमं पवित्रं' म्हणत सत्यान मीराच्या गळ्यांत तीन पोडाचें जानवें घालें. उपरांत ताच्या कानांत गायत्री मंत्र पुटपुटून सत्यान ताका म्हणपाक लायलो. तागेल्या बोटाक पवित्रा घालून 'ॐ भूः अग्नये स्वाहा' अशें म्हणपाक लावन अग्नीक तर्पण दीत मीराक हवन करपाक लायलें. उपरांत 'ॐ अग्ने नय सुपथाराये अस्मान्। विश्वानि देववयुनानी विद्वान्' अशे मंत्र म्हणत अग्नीक प्रदक्षिणा घालपाक लायली.

सगळें जातकीच सत्यान म्हणलें, 'तूं हॉस्टेलांत रावता. थंय होम करपाक जमचें ना तुका. संध्या करपाक जाता. पांच-स दिसांत शिकतलें. बरोवन दितां. पूण तूं संध्या करतलें जाल्यार, उरिल्ले, हेर जातींतले, सगळ्या जातींतल्यो बायलो, तुमगेल्या जातींतले लोक नांवां दवरतलीं. ताचेकडेन लक्ष दिनासतना तुगेलें काम करपाची संकल्पशक्त आंगात दवर.'

तितले म्हणसर वतांत सुकत घाल्ली साडी सुकिल्ली. घागरो, ब्रा, पोल्क मात्शे वोलेच आशिल्ले. मीरा ते घालून आयलें, 'हांव घराकडेन वतां' अशें सांगलें.

'जेवन वच. बेंगळूराक केन्ना वतलें?'

'खबर ना.'

'हें पळय, शिक्षण सोडूं नाका. श्रीनिवासाचो विशय चड मनाक लावन घेनाका. हांव ताका आनी एक फावट सांगून पळयतां.'

'तशें कांय तुमी करनाकात.'

इतल्यांत नोकर गांवातल्यान दूद घेवन आयलो आनी दिवन परतो गेलो. सत्या कॉफी करपाक गेलें. मीरानच म्हणलें, 'म्हाका एक पेलो दूद दियात.' 'चलयांनी अशेंच आसपाक जाय.' अशें म्हूण ताची फाट थापटिली. सत्यान दूद तापोवपाक दवरलें. 'तुमीय पिवपाक जाय' मीरान म्हणलें.

दोगांय एकेक पेलो दूद पिलीं.

सत्यान ताचेकडेन लक्ष दिवन पळयलें. मीराच्या दोळ्यांत तेज नाशिल्लें. चेहरो दें‌विल्लो. सत्यान म्हणलें, 'तूं कित्याक ओग्गी आसा? तुवें यज्ञोपवित घालां. कोणाच्याय परस तू कमी दर्जाचें ना.'

मीरान ओणोव घेवन सत्याच्या पांयांक हात लावन नमस्कार केलो. 'येतां हांव.' ताणें म्हणलें.

'नमस्कार कित्याक केलो?'

'हांव मांग न्हय हें मान्य करून तुमी म्हाका यज्ञोपवीत घालें.'

'कोणूच मांग न्हय मीरा.'

'तुमकां कळना. तुमी फकत वेदांताविशीं सांगतात' अशें म्हणटना मीराच्या दोळ्यांत दुकां भरलीं.

'बेंगळूरांत वच्चे पयलीं हांगा येतलें?'

मीरान कांयच जाप दिली ना. आपली पर्स घेतली, जोतें घालून भायर सरून गेलें. सत्या घरांतल्यान भायर येवन मेरेचेर उबें रावन, तें वंयेचें दार काडून आपल्या वसतेवाटेन वचमेरेन ताका पळयत रावलें.

दिसभर सत्यान कांयच केलें ना. दनपरां रांदप करून जेवलें. श्रीनिवास मीराकडेन अशेतरेन वागतलो हाची सत्याक मात लेगीत कल्पना नाशिल्ली. पूण तो असो वागलो हातूंत अजाप जावपासारकें कांय ना. तागेली संकल्पशक्त कमी आसा हाका विंगड पुराव्याची गरज नाशिल्ली. पूण आपले मानसिक दुर्बळतायेक लागून हेरांक कितले त्रास जातात हाची मात्शी ताका जाणविकाय आसपाक जाय आशिल्ली. सत्याच्या मनांत मीराचें व्यक्तिमत्वच भरिल्लें. मीरान आदल्या दिसा सांगिल्लें इतिहासीक सत आजूनय सत्याच्या तकलेंत घुमतालें. सत्याच्या मनांत एकतरेची तृप्तताय भरिल्ली. आयच्या दिसा आपणें दुसऱ्याक, तेंवूय आयजमेरेन मांग म्हूण वळखुपी आनी सगळ्या जातीं मदीं कमी म्हूण मानिल्ले जातींतले एके बायलेक ब्रह्मोपदेश केलो. मीरान उपदेशाविशीं स्वता जावन आपली इत्सा प्रगटायिल्ली. आतां मीरा ज्या दुख्खांत आसा तें दुख्ख चडशे त्रास नासतना सहन करपाक जातलें. पूण येत्न करून श्रीनिवासाक समजावपाक जाय. मीरान सांगिल्ली व्याख्या सिद्धांतरुपान योग्य आसतली. पूण वेव्हारिक नदरेन पळोवपाक गेल्यार सामकी आदर्शान भरल्या. एके चलयेकडेन इतलें सगळें करून मन बदलप्याक, कितेंय आसूं, मोन्यांनी सोडूंक जायना.

ताका मोहनदासाची याद जाली. हो विशय ताका कळ्ळो जाल्यार तो कसोच ओगी रावचो ना. दसऱ्याची सुटी वीस दिसांचेर आशिल्ली. त्यावेळार देवस्थानांत प्रवेश करपाचे तयारेखातीर तो विंगड विंगड गांवांनी भोंवतालो. दिसाळ्यांनी ताचेविशीं खबरो येताल्यो. मुख्यमंत्र्याक मेळपाक गेल्ल्या शिश्टमंडळांत बेट्टय्या लेगीत आशिल्लो. हरिजनांच्या मागणेप्रमाण देवळाकडेन पुलीस दवरपाची वेवस्था केल्ली. मोहनदास आतां खऱ्यांनीच युद्ध करपाचे मनोभावनेंत आसतलो हें सत. श्रीनिवासाचो विशय कळ्ळो जाल्यार ताका धरून मारले बगर रावचो ना. पूण अशें घडूंक जायना. एकमेकांचे सोयरे

जावपाचे आसात, तांणी आतां झगडप न्हय. ताका धाक घालून काम करपाक जाय.

सत्याच्या मनांत खूब विचार येताले. ताका रातीं बेगीन न्हीद आयली ना. मीराचेच विचार आनी मीराचोच हुस्को. इतले बरे चलयेचो हात धरपाचें भाग्य श्रीनिवास वगडायता हाचो ताका हुस्को आशिल्लो. सत्यान सकाळीं उठून तोंड धुलें. आयज म्हैसूरांतल्या प्रोफेसराक पत्र बरोवपाक जाय, असो निश्चेव करून, रोखडेंच हातांत पेपर आनी पेन घेवन बसलें. सुरवात सारकी जाली ना. कशें येता तशें बरोवपाचें. उपरांत जें नाका ताका खाडो घालून परतें बरोवपाचें अशें सत्यान थारायलें. सात-आठ वळी बरोवन जाल्ल्यो. इतल्यांत कोणतरी आयिल्ल्याचो भास जालो. धेंपां मारीत येता असो कोणाचो तरी आवाज आयकूंक आयलो. तो बुटांचो आवाज म्हूण कळ्ळो. इतल्यांत घरामुखार एका कॉन्स्टेबलान येवन सांगलें, 'बेट्टय्याचे चलयेन तळयांत जीव दिलो. पंचनाम्याचें काम चलता. तुमकां थंय आपयलां.'

हें आयकून सत्याचें काळीज धडधडपाचें थांबिल्लेवरी जालें. तकली सारकी चलना जाली. सत्यान विचारलें, 'कोणे?'

'बेट्टय्याचे चलयेन' परते पुलिसान सांगलें.

पेन आनी कागद सकयल दवरून, दार उक्तेंच दवरून सत्या ताचेवांगडा गेलें. ताचेपरस झरझरीत पावलां मारीत तें शेता मेरेवयल्यान तळ्याच्या बांदाचेर पावलें तेन्ना थंय बेट्टय्या, तागेली बायल, मातंगी, इतलेंच न्हय, तांगेल्या कॉलनींतले तीस-चाळीस लोक जमिल्ले. गांवातलेय धा-पंदरा लोक जमिल्ले. खबर कळटकूच आनीक लोक येताले. पुलीस-सबइन्स्पेक्टर आनी चार शिपाय लोकांक बांदाकडेन येवंक दिनासतना कांय अंतराचेरुच आडायताले. सुमार दोन वर्सांपयलीं तागेल्या अप्पान उडी मारिल्ली त्याच जाग्यार मीरान लेगीत पोटाक फातोर बांदून उडी मारिल्ली. कूड सकयल उदकांत बुडिल्ली. आनी साडी फुलयिल्ले सत्रेवरी वयर हुबताली.

मीराची आवय जमनीर पडून व्हडल्यान रडटाली. मातंगी पदरान दोळे पुसत तिका थाऱ्यार हाडपाचो येत्न करताली. बेट्टय्या धोंपरांचेर तकली तेंकोवन रडटालो. सब-इन्स्पेक्टरान एक धवो लखाटो सत्याच्या हातांत दिलो. सत्यान तो लाखाटो हातांत घेतलो. पुलिसांनी तो उक्तो केल्लो. लखाट्यांत सत्यान हात घालून पळयलो. एक ल्हान कागद. त्या कागदाचेर मीराचें अक्षर. 'स्वताचे इत्सेन हांव आत्महत्या करतां. हाका कोणूच खंयचेच तरेन

जापसालदार ना.' अशें बरोवन सकयल सय करून आदल्या दिसाची तारीख बरयिल्ली.

सत्यान विचारलें, 'हें पत्र खंय मेळ्ळें?'

'एका फातराचेर पत्र दवरून ताचेर ल्हान फातोर दवरिल्लो. हें पळय, लखाट्याचेर 'पुलिसांखातीर' म्हूण इंग्लीशींत बरयलां. लखाट्याचेर हें जानवें गुटलावन दवरिल्लें.' अशें म्हणत सब-इन्स्पेक्टरान अजूनमेरेन पीळ सुटनाशिल्लें तीन पोडाचें जानवें दाव्या हातांत सत्यामुखार धरलें. 'मरतल्यान कितेंय बरयल्यार लेगीत फुडलो तपास करपाची आमची जापसालदारकी. पयरचे रातीं आनी काल सकाळमेरेन तुमगेल्या भाटांतल्या घरांत राविल्लें म्हूण आयकलां. ताणेंच आवयक तशें सांगिल्लें खंय. तुमकां हाचेर कितें सांगपाचें आसा तें सांगात.' अशें पुलिसानी म्हणलें.

सत्याची नदर कांय वेळ उदकांत उफेतल्या मीराच्या मड्याक एक मिनीट पळयत रावली. मीरान अशी ताकतीक करपाक जायनाशिल्ली. मीरान सांगिल्ल्या इतिहासाविशींच्या विचाराची याद जाली. आनी खतखतून राग आयलो. सगळे लोक स्वास सोडिनासतना सत्याची जाप आयकताले.

'म्हगेली जबानी जाल्यार बरोवन दितां. तुमी तागेली पर्स पळयल्या?'

'ना.'

'बेट्टय्यांक विचारात.'

'ती पर्स घराकडेन आसा. तातूंत कितें आसा?' बेट्टय्यान विचारलें.

'हांगा हाडून घेयात आनी उक्ती करून पळयात.' सत्यान म्हणलें.

'कोणूय वचून ते पर्सीक हात लावं नाकात. आमकांच पयलीं पळोवपाक जाय.' अशें म्हणून आनी तीन कॉन्सटेबल आनी एका हेड कॉन्स्टेबलाक 'तुमी हांगाच रावात' अशें सांगून सब-इन्स्पेक्टर हरिजन-कॉलनीकडेन गेलो. वतना दोन कॉन्स्टेबलांक वांगडा घेतले. बेट्टय्या आनी सत्या लेगीत तांच्या वांगडा गेलें.

घरांत पावल दवरना फुडें बेट्टय्यान मुखारूच वण्टीर गांधीजीच्या फोट्याकडेन हुमकळायिल्ली मीराची पर्स दाखयली. सब-इन्स्पेक्टरान ती मुखार वचून हातांत घेतली आनी भायल्या वारांदार येवन तातुंतली एकेक वस्त भायर काडपाक लागलो. एक ल्हान फणी, ल्हान हारशी, एक पेन, एक पयशाची पर्स. दुसऱ्या खणांत श्रीनिवासाचें पत्र. ताचेवांगडा काडिल्लो फोटो. मीराचें अक्षर आशिल्लें पत्र. इन्स्पेक्टरान पयलीं श्रीनिवासाचें पत्र व्हडल्यान वाचलें. ताचेउपरांत तांणी मीराचें पत्र वाचलें, 'तीर्थरूपांच्या चरणांचेर बालिका मीराचो नमस्कार.

हें पत्र हांव तुमकां बरयतां. अण्णाक बरयना. तुमी ह्या पत्राप्रमाण करपाक जाय अशी विनवणी. म्हज्या मरणा उपरांत कोणाकूच त्रास जावंक जायना. श्रीनिवासांक कसलोच त्रास जावचो न्हय हेखातीर तुमी अण्णाक थातारूंक जाय. ह्या पत्रावांगडा आशिल्ल्यो वज्रांवेडी, भांगराचो हार आनी श्रीनिवासांनी म्हाका घेवन दिल्ल्यो साडयो आनी पोल्कां ताका विसरनासतना परतीं करात. म्हजी रुममेट पार्वती तांणी दिल्ल्यो साडयो आनी पोल्कां तुमकां काडून दितली. म्हज्या मरणाचेर तुमकां सगळ्यांक दुख्ख जातलें. म्हगेल्या ह्या दुबळेपणाचो, गुरू सत्याम्माक तर राग येतलो. पूण तुमी सगळ्यांनी म्हाका माफ करपाक जाय.

तुमचें मोगाळ मीरा.'

पत्राचेर आदल्या दिसाची तारीख बरयिल्ली.

सब-इन्स्पेक्टरान पर्सीच्या तळाक हात घालो. पांच-स पोडाचो हार आनी चकचकपी वज्राच्यो वेड्यो हाताक लागल्यो.

'काल सांजवेळा कांयच उलयनासतना ओग्गी बशिल्लें. हें पत्र केन्ना बरयलें आनी केन्ना रातीं घरांतल्यान भायर सरलें, देव जाणा!' बेट्टय्या परतो रडूंक लागलो.

## 10

मीरान बरयिल्लें पत्र आनी हार, वज्रां वेड्यो सांपडिल्ली खबर कळटकीच मंत्री धांवन आयिल्ल्यान पुलिसांनी केस केली ना. मोहनदास खंय आसा हाचो पत्तो लागलो ना. तो आपणाल्या क्रांतिकारी येवजणेखातीर कार्यक्रमाक कार्यकर्ते संघटित करपाखातीर कोलार भागांत गेल्लो. खंयच्या गांवांत गेला हें कोणाकूच खबर नाशिल्लें. तागेले इश्ट आनी तागेल्या कार्यक्रमाविशीं घरच्या लोकांक कांयच खबर नाशिल्ली. तेखातीर तागेली वाट पळयनासतना निमाणे संस्कार केले. वेंकटेश गांवचो बातमीदार आशिल्लो. मंत्री आनी आमदाराच्या भुरग्यांची भानगड आनी तातुंतल्यान उत्पन्न जाल्ली ही आत्महत्या आशिल्ल्यान ताणें ही खबर दिसाळ्यांत कळयली ना.

सत्या सदांच बेट्टय्याच्या घराकडेन वतालें. बेट्टय्याचे घरकान्नीक समजावप, सामकें तकालस घेवपाचें काम आशिल्लें. बेट्टय्याचीं दुकां गळनाशिल्लीं, पूण दुख्खान मोन्यावरी बसून राविल्लो. मीरा मरून चार दीस जाल्ले. त्याच दिसा बेट्टय्या स्वताच सत्याच्या घराकडेन आयलो. तांच्या

हातांतले पिशवेंत मीराची पर्स आशिल्ली. ती पर्स सत्याच्या हातांत दिवन म्हणपाक लागलो, 'हार आनी वज्रां वेड्यो हातूंत आसात. बेंगळूरांत वचून तागेल्यो साडयो सोदून काडून त्यो तुमी तुमकूरांत पावयात.'

'इतली कित्याक गडबड करपाक जाय?' सत्यान विचारलें.

'ह्यो वस्ती म्हज्या घरांत नाकात. तूं फाल्यांच वच. तोमेरेन तुमचेकडेनूच आसूं दी.' अशें बेट्टय्यान म्हणलें.

'तुमीय म्हज्या वांगडा येयात. तुमी आयले नाजाल्यार हॉस्टेलांतलें सामान मेळचें ना.' अशें सत्यान म्हणलें.

'तागेलें हेर सामान आमकां नाका. त्यो साडयो आनी पोल्कां तितलीं ताका पावयात.'

'तेखातीरूय तुमी येवपाक जाय.'

दुसऱ्या दिसा सकाळीं पयले बशीन दोगांय बेंगळूरांत गेलीं. तीं पावलीं तेन्ना पार्वती कॉलेजींत गेल्लें. सत्याच कॉलेजींत वचून पार्वतीक हॉस्टेलांत घेवन आयलें. घडिल्ली गजाल कळटकीच पार्वतीन म्हणलें, 'तें खूबच आदर्शवादी आनी भावनाप्रधान आशिल्लें. ताणें तशें बरोवन दवरलां म्हूण तुमी कित्याक ओगी रावल्यांत? पुलिशेंत केस करून असल्या लोकांक बुद्द शिकोवंक नाका?'

'तागेलो बापूय हाका तयार ना.'

पार्वतीन दाखोवन दिल्ल्यो साड्यो आनी पोल्कां विंगड बांदून घेवन वॉर्डनच्या परवानगेन मीराचें हेर सामान घेवन, एक टॅक्सी करून तीं थेट बसस्टँडार आयलीं. रोखडीच मेळिल्ले बशीन तुमकूरांत पावलीं तेन्ना दनपारचीं साडेचार वरां जाल्लीं. सामान घालून टांग्यांत बसतकीच बेट्टय्यान सत्याक म्हणलें, 'तुमी तागेल्या ऑफिसाकडेन देंवात. हांव दुकानाचेर वतां. श्रीनिवासाचें सामान दिवन तुमी दुकानाचेर येयात.'

सत्या श्रीनिवासाच्या रुमाचेर पावलें तेन्ना तो थंयच आशिल्लो. तागेलो बापूय लेगीत कदेलाचेर बशिल्लो. खंयच्या तरी गंभिरतायेच्या उतरांक लागून पातळिल्लो मोनेळ त्या रुमांत आशिल्लो. भितर येवन सत्या एक मिनिट कदेलाचेर बसलें. ते दोगूय ताका पळयताले. कोणूच उलयलो ना. सत्या उठलें आनी श्रीनिवास बशिल्ले खाटीम्हच्यांत आयलें आनी आपले पिशवेंतल्यान दोन रेशमी साडयो, दोन नायलॉन साडयो, चार पोल्कां, एक भांगराचो पांच पोडाचो हार, दोन वज्राच्यो वेडी सत्यान एकेक करून श्रीनिवासामुखार दवरल्यो. तो भ्रमिश्टावरी सत्याकडेन पळयतालो. आपली पर्स काडून, तातूंत दवरिल्लें मीराचें पत्र काडून ताणें ताचेमुखार धरलें आनी म्हणलें, 'वाचून परतें दी'. श्रीनिवासान

त्या पत्राक हात लेगीत लायलो ना. एक मिनीट वाट पळोवन सत्यान म्हणलें, 'ताणें कित्याक आत्महत्या केली हें तुका खबर आसा. तुगेल्या बापायन तितलें तरी तुका सत सांगलां आसतलें अशी हांव आस्त बाळगितां. मरचे पयलीं ताणें हें पत्र बरयलां. राव, हांवूच वाचून दाखयतां.' म्हणत सत्या व्हडान तें पत्र वाचूंक लागलें.

'तीर्थरुपांच्या चरणांचेर बालिका मीराचो नमस्कार,

हें पत्र हांव तुमकां बरयतां. अण्णाक बरयना. तुमी ह्या प्रमाण करपाक जाय. म्हज्या मरणान कोणाकूच त्रास जावंक जायना. श्रीनिवासाक कसलोच त्रास जावचो न्हय म्हूण तुमी अण्णाक थातारपाक जाय. हे पिशवेंत दवरिल्ल्यो एक पार वज्रा वेड्यो आनी भांगराचो हार, श्रीनिवासान घेवन दिल्ल्यो साड्यो, पोल्कां विसरनासतना ताका पावयात. म्हजी रुममेट पार्वती त्यो साड्यो आनी पोल्कां दाखयतलें...' इतलेंच वाचून, 'ओ, आनीक एक गजाल विसरलें. तुवें मीरावांगडा काडिल्लो फोटोय हांगाच आसा.' अशें म्हणून सत्यान आपल्या पिशवेंत हात घालून फोटो काडून श्रीनिवासामुखार दवरून म्हणलें, 'तें कित्याक मेलें हें तुका खबर आसा. त्या दिसा तें हांगा आयिल्लें तेन्ना तूं पिल्लो खंय. हार, वज्रा वेडी करून दिल्यो म्हूण तें तुजे वांगडा न्हिदलें आनी आतां तें न्हिदल्यार वज्राचीं कांकणां दितलों अशें तुवें म्हणलें खंय. तेखातीर ह्यो सगळ्यो वस्तू तुका परत करच्यो अशी तागेली इत्सा आशिल्ली. बरें, आतां हांव वतां.' अशें म्हणून तें रुमांतल्यान भायर आयलें. तो भ्रमिश्ठावरी आपल्यामुखार दवरिल्लें भांगर आनी वस्त्रां पळयतालो.

सत्या वीस पावलां चलिल्लें. फाटल्याच्यान, 'सत्यम्मा' असो उलो मारिल्लेवरी दिसलें. फाटल्यान वळून पळयलें : मंत्री झरझरीत पावलां घालीत सत्या म्हऱ्यांत येतालो. म्हऱ्यांत पावतकीच ताणें म्हणलें, 'तुजेवांगडा उलोवंक जाय. यो, बेंगळूरांत वचुंया.'

'म्हजें थंय कांयच काम ना.'

'अय्यो! अशें म्हणपाक जायना. हांवूच गांवांत येवन मेळपाचों आशिल्लों. आतां तूं सामकें निरोप धाडून आपयिल्लेवरी हांगा आयलें. चल. चल.'

'गौडा, हांव बेंगळूराक येना. हांव मोहनदासाच्या दुकानाकडेन वतां.'

'तो गांवांत ना खंय. खंय तरी कोलार जिल्ल्यांत गेला म्हूण आयकलां.'

'म्हाका तें खबर ना. हांव आनी बेट्टय्या वांगडाच आयिल्लीं ते दुकानाचेर म्हजी वाट पळयतले. 'ह्यो साड्यो, पोल्कां तुमी दिवन येयात.' हांव वाट पळयत हांगा रावतां म्हूण सांगिल्लें.'

'अशें? काकुळट! सामको बरो मनीस. तांचे बाबतींत अशें जावंक फावनाशिल्लें. ह्यो चलयो आनी चले बेजबाबदारपणान काम करतात. आमच्या देशांत जापसालदारकी म्हणटात ती ना. कितें म्हणटा तूं? हं. आतां यो, बेंगळूरात येवपाक तुका वेळ नाजाल्यार हांगाच खंयतरी मात्सो वेळ उलोवया.'

'उलोवपासारकें कांयच ना, गौडा.'

'अय्यो! अय्यो! अशें म्हणू नाका चल' अशें म्हूण सत्याच्या मुखार येवन वाट आडोवंक लागलो. बाजारांतल्या रस्त्यावयले धा-पंदरा लोक तांचेकडेन पळयत उबे रावले. तातुंतल्या कांय जाणांक तो मंत्री आशिल्ल्याचें खबर आसतली काय कोण जाणा. सत्याक लज दिसली. निरुपायान तें मंत्र्यावांगडा गेलें आनी म्हणलें,

'चलात, पूण म्हाका चड वेळ ना.'

ऑफिसामुखारूच मंत्र्याची मोटार उबी आशिल्ली. तांणी मुखावयल्या हॉटेलांत बशिल्ल्या ड्रायव्हराक उलो मारलो. सत्याक बसोवन गुब्बी-रस्त्याचेर तीन मैल व्हरून मोटार एका झाडापोंदा उबी केली. सकयल देंवन सत्याक घेवन मळाचेर अर्द फर्लांग चलत एका फातराकडेन आयलो. मंत्र्यान बोल्सांतल्यान लेंस भायर काडलो. लेंसान फातोर पुसलो. ताचेर फूंक मारली आनी तो जागो निवळ करून थंय हात दाखयत ताणें म्हणलें, 'बस, बाय!' उपरांत तो स्वता सत्यामुखार बसत म्हणपाक लागलो, 'सगळें तुका खबर आसा. आतां मुखावयली जापसालदारकी तुजी.'

'तुमी कितें म्हणपाक सोदतात?'

'तो पयलीं पितालो खंय. आतां चार दीस जाले, ताणे बाटलेक आफुडली लेगीत ना. कारकूनान सांगलें. असोच भ्रमिश्टावरी बसून रावता खंय. तुवेंय पळयलो न्ही ताका.'

'मागीर? हांवें कितें करपाचें अशें तुमी म्हणटात?'

'तुका खबर ना जाल्यार म्हाका कशें कळटलें?' अशें म्हणत तो कृत्रिम हांसलो.

सत्यान म्हणलें, 'तशें जाल्यार तुमी अशें करात.'

'कशें?'

'ताका एक बाटली हाडून दियात, तागेलो भ्रमिश्टपणा ना जातलो.'

मंत्री गंभीर जालो. चेहऱ्याचेर रागाचीं चिन्नां दिसूंक लागलीं. पूण राग आवरून तो मंद हांसलो आनी म्हणूंक लागलो, 'तुमी दोगांय ल्हानपणासावन वांगडाच वाडलीं. मदीं कितेंतरी विपरीत घडून गेलें. तुगेलो रागूय देंवलो ना.

त्या दिसा हांव तुजेकडेन आयिल्लों, तेन्नाच तूं ताचेकडेन लग्न जाल्लें जाल्यार श्रीनिवास पिवपाक सुरवात करचो नाशिल्लो. तुवें न्हयकार दिलो म्हूण ताका ही संवय लागली.'

'गौडा, तुमी जें सांगतात तें सामकें फट हें तुमकां खबर आसा. ताका बेट्टय्यांची चली सामकी मनांतल्यान आवडिल्ली. नाजाल्यार तो मीराक साडयो, वेडी घेवन दितलो आशिल्लो? श्रीनिवासान ताका न्हयकार दिलो, ताका कोण जापसालदार तें म्हाका खबर ना. तुमकां खबर आसा असो म्हजो अदमास. सांग म्हूण हांव तुमकां आग्रो करचें ना. तें जाणून घेवन म्हाका कांयच करपाचें ना. आतां म्हजेविशीं सांगतां तें आयकात. म्हज्या मनांत ताचेविशीं मात लेगीत भावना ना. अडेच वर्सांपयलीं ताणें दुसरेकडेन लग्न केलें तेन्नाच म्हज्यो भावना सगळ्यो नाच्च जाल्यो. ताचेउपरांत ताचेकडेन इश्टागत आशिल्ली. बेट्टय्याचे चलयेकडेन तो जेतरेन वागलो ताचेउपरांत स-सात दिसांनी ती इश्टागतय नश्ट जावन गेल्या. आतां आनीक उलोवणीं वाडोवंनाकात. उठात.' -म्हणत तें उठून उबें रावलें.

'तुवें अशें म्हणल्यार आमची कितें गत? तिडकीसरशीं तूं अशें उलोवंनाका. तें चली मेलें म्हूण आयकतकीच म्हज्याय दोळ्यांतल्यान दुकां आयलीं.' अशें तो सांगतालो, तें आपल्याक कांयच आयकूंक येवंक नाशिल्लेवरी करून तें झरझरीत रस्त्याचे दिकेन चलूंक लागलें.



# सतरा

## 1

त्या वर्सा भाद्रपद म्हयन्यांत परतो पावस पडलो. पिशावरी एकफावट व्हांवन थांबिल्लें तळ्याचें उदक परतें पिसाळिल्लेवरी व्हावंक लागलें. गांवकाऱ्यांनी तळ्याच्या फातराचे वणटीवयल्या गौरा- गणपतीचें विसर्जन केलें. गौरी गेली आनी नवरात्रां आयलीं.

श्रीनिवासाच्या देवळांत आपले जातीच्या लोकांचो पाडव्याच्या दिसाच नेमान प्रवेश करपाक सुरवात करपाची असो मोहनदासान निश्चेव केल्लो. पाडव्याच्या तीन दीस पयलीं शाळांनी सुटी पडपाची आशिल्ली. कॉलेजींनी तर पांच दीस पयलींच सुटी पडिल्ली. तिरुमलापूरांतलें श्रीनिवासाचें देवूळ हें पुराय जिल्ल्यातलें एक मुखेल देवूळ. हातूंत प्रवेश करपांत विशेश म्हत्व आशिल्लें. तेचबराबर क्रांतीसंघाचो एक मुखेल कार्यकर्तो मोहनदासाच्या जल्मगांवांतलें हें देवूळ. ताणें आनी तागेल्या पुर्वजांनी ह्या गांवात अणभविल्लो अपमान तागेल्या मनांत खतखततालो. तेखातीर आतां सुरवात केल्लो देवळांतलो प्रवेश हाचेउपरांत केन्नाच थांबोवचो न्हय हे नदरेन तागेल्यो हालचाली चलताल्यो. तुमकूरांतल्या हॉस्टेलांतल्या भुरग्यांक उमाशेसावन सुटी सोंपमेरेन आपल्याल्या घराकडेनूच रावपाची मोहनदासान वेवस्था केल्ली. पयले दोन दीस मोहनदासूय हांगाच रावन मागीर हेर गांवांक भेट दिवन थंयची उदरगत पळोवपाक वतालो.

भयणीचे आत्महत्येची खबर स दिसांनी ताका कळ्ळी. खबर कळनाफुडें तो गांवांत धांवन आयलो. बापायक विचारलें, 'केस कित्याक घालीना?' तुमकूरांत वचून श्रीनिवासाक जोत्या व्हाणांनी बडोवपाचो वा ताका मारून उडोवपाचो सोपूत घेतलो. मीरान बरयिल्लें पत्र मोहनदासाच्या हातांत दिवन बेट्टय्यान ताका विनवणी केली. 'तागेली इत्सा मोडूंनाका.'

'मीराक अक्कल नाशिल्ली' - तो तिडकीन आड्डलो.

'मोगाचो गुणच असो आसता. महात्माजी म्हणटाले - जाणें वायट काम केलां ताचेरूय मोग करपाक जाय म्हूण.'

'ताणें वायट गजाल केली हें तरी तुमी मान्य करतात म्हणपाचें?'

'हय.'

'मागीर ओग्गी कित्याक रावल्यात?'

'कितें करूं?'

'ताचेर केस घालात.'

'मीराचे इत्सेविरुद्ध कांयच करचें न्हय.'

मोहनदास ओग्गी रावलो. भाटांत येवन सत्याक मेळ्ळो. ताचेकडल्यान खरें कितें घडलें तें विचारून घेतलें. बापायचेर तिडकलो ना. कोणाचेरूय आक्षेप केलो ना. भयण मेली म्हूण निराश लेगीत जालो ना. नीट तुमकूरांत गेलो. मदीं चार फावटी गांवांत आयिल्लो खंय. बापायकडेन खूब वाद केलो खंय. पूण सत्याक वचून मेळ्ळो ना. मातंगी मात हालींसरा आतऱ्या-पयऱ्यान सत्याक मेळपाक येताली. मीरा मरत सावन मातंगीक सत्याविशीं आत्मियता वाडली. सत्यालेगीत दोन फावटी बेट्टय्याचे बायलेक सहानुभूती दाखोवपाखातीर वचून आयलें. तांचेकडल्यान सत्याक मोहनदासाविशीं खबर कळटाली.

उमाशे दिसा सकाळीं आठ वरांचेर मोहनदास सत्याकडेन आयलो. तें हवन करून उठ्ठालें इतल्यांत मोहनदासान भितर येवन म्हणलें, 'तूप जळयिल्लो वास सगळे भाटभर जाला. मनशान खावपाचें तूप तुमी उज्यात घालून नश्ट करून उडयतात. हें सगळें कित्याक तूं सोडून दिना?'

तागेलें येवप अनेपक्षित आशिल्लें. तागेलें उलोवणे मात तागेल्या विचारांक धरूनच आशिल्लें. तेखातीर सत्या कांयच उलयलें ना. 'फाल्यांची वेवस्था खंयमेरेन पावल्या?' इतलेंच विचारलें.

'आयज सांजवेळा बशीन धा जाण भुरगे येतात. फाल्यांसावन पुलिसांनी देवळाकडेन रावन आमकां देवळांत प्रवेश करपाक त्रास जावचो न्हय अशेतरेन भितर सोडपाचें अशी वयल्यान ऑर्डर आयल्या. पुलीस कशे तांकां भितर सोडटात आमी पळयतात अशें गांवातले लोक म्हणटात खंय. तो जाणटेलो पटेल आसा न्हय, जाणे म्हगेल्या बापायच्यो मिश्यो कापल्यो, तांणी प्रतिज्ञा केल्या खंय. कोणाकूच देवळांत सोडचो ना म्हूण. अशें आसतना मारामारी लेगीत जावंक शकता. आमगेले धा जाण भुरगे आसात न्हय, ते मारामारींत खास प्रशिक्षण घेवन आयल्यात. आमगेले वसतेंतले दादले-बायलो तयार आसात.'

'तुमगेले वसतेंतले सगळे तयार जाल्यात? सगळे?'

'हय, उजवे हातकार लेगीत सामील जातात. म्हगेलो बापूयच नेतृत्व करता.'

'अशें?' सत्याक अजाप दिसलें : 'मारपेट जाल्यार लेगीत नेतृत्व करपाक तयार आसात?'

'हय.'

'ते कशें शक्य आसा?'

'मीरान श्रीनिवासाचेर कसलेच तरेची केस करची न्हय अशें चिटयेंत बरोवन दवरिल्लें दोन नदरेंतल्यान बऱ्याक पडलें. केस केल्ली जाल्यार अप्पाजींचें दुख्ख थंयच सोपून वता आशिल्लें. आतां तें भितरले भितर खतखतत आसतना हांवें तांचेकडेन चर्चा करून तांकां क्रांतीच्या मार्गाकडेन वळयले.'

सत्याक सुमार एक मिनीट अजाप दिसलें. सत्याक खबर आशिल्लें. बेट्टय्या म्हणल्यार सहनशिलतायेची मूर्त म्हूण. ताका राग म्हूण येनाशिल्लो. लोक सांगताले, ल्हानपणासावनूच ताचो सभाव असलोच म्हूण. हजारांनी वर्सां जाल्ल्या अन्यायाचो परिणाम म्हूण अन्याय मोन्यांनी सहन करप होच आपलो धर्म अशा मनोधर्मान तो वागतालो. तेचबराबर स वर्सां गांधी आश्रमांत रावन अहिंसेविशीं श्रद्धा तांचे आंगवळणीक लागिल्ली. असले व्यक्तीन क्रांतीखातीर तेंको दिवप ही एक अजापाची गजाल आशिल्ली.

पुण दुसऱ्याच खिणांत सत्याक दिसलें, हातूंत कांयच असभाविक ना.

मोहनदासान म्हणलें, 'हे धा भुरगे हांगा वीस दीस रावतले. तांची जेवणा-खाणाची वेवस्था सगळी अप्पाजीन केल्या. ते सदां आमचे वसतेंतल्या दादल्या-बायलांक भाशणां दिवन जागृताय हाडटले. क्रांती म्हणल्यार कितें, मान म्हणल्यार कितें, मर्याद म्हणल्यार कितें, हाची विस्कटावणी करून सांगतले. भायल्या लोकांनी येवन सांगल्यार आमगेल्या लोकांचे तकलेंत रोखडेंच वता. हांव उलोवपाक लागलों जाल्यार, 'ह्या बेट्टय्याच्या चल्याक आनीक कसलेंच काम ना' अशें म्हूण फकाणां करतले.'

'तुमी म्हणिल्लें न्हय आनीक एक नदरेन बरेंच जालें? ती खंयची गजाल?'

'खंयचे नदरेन?'

'तुमी म्हणिल्लें मीरान पत्र बरयिल्लें तें दोन नदरेन बरें जालें.'

'हांऽ हांऽ?' मोहनदासान व्हडा उमेदीन म्हणलें, 'श्रीनिवासाक पिशें लागलां.'

'खरें? केन्नासावन?' सत्यान भिवन आनी अजापीत जावन विचारलें.

'स दीस रस्त्यावयल्यान भोंवतालो. गळ्यांत भांगराचो हार घालून रावतालो. जो कोण मेळटालो ताका 'बायलकुरो रांडेच्या' अशो गाळी मारतालो. म्हाका ही खबर कळ्ळी. हांवें विचार केलो. मागीर आमगेल्या

हॉस्टेलांतल्या चार भुरग्यांक आपोवन ताचेफाटल्यान छूः म्हूण सोडले. होन्नेश खबर आसा न्हय. तोच तांगेलो मुखेली. ताणें फाटल्यान लागून 'शिखंडी चेडयेच्या, शिकंडी चेडयेच्या' म्हूण चाळोवपाक सुरवात केली. 'फातरांनी मारून जीव घेतलों.' अशें म्हूण फाटल्यान धांवतालो. ते धांवन वचून लिपताले. परते फाटल्याच्यान येवन 'शिखंडी चेडयेच्या' अशी म्हूण आड्डी मारताले. गल्लींतले हेर भुरगेय तांकां सामील जाल्ले. सगळे 'शिखंडी शिखंडी' म्हूण ताच्या फाटल्यान लागताले. खाड केलें ना, केंस कापले ना, म्हेळे कपडे, अशे अवस्थेंत तो आशिल्लो. तो मंत्र्याचो चलो म्हूण लोकांक रोखडेंच कळ्ळें ना. इतले भुरगे मेळून ताका शिखंडी शिखंडी म्हूण चाळयत राविल्ल्यान दोन वरांभितर तागेलें पिशें चाळवलें. 'हांव शिखंडी न्हय, हांव शिखंडी न्हय' म्हूण किंळच्यो मारपाक लागलो. होन्नेश बरोच हुशार...'

'तुमी अशें कित्याक केलें?' सत्यान मर्दींच विचारलें.

'तागेलें पिशेंपण वाडोवपाखातीर' मोहनदासान तिरस्कार आनी आनंदाचो अणभव घेत जाप दिली.

पूण सत्याक मात हाचें वायट दिसलें. 'हाका मनीसपण म्हणनात.' अशें सत्यान म्हणलें.

'आमी कितेंय केल्यार लेगीत तें मनीसपण न्हय. वयले जातीच्या लोकांनी तांकां जाय तें करपाक जाता न्हय? फाल्यां अकस्मात मारामारींत आमी चार जाणांक भोसकिले जाल्यार तेन्नालेगीत तुमी हें मनीसपण न्हय म्हणात. सत्या, तुमी इतिहास वाचला. तुमी बरें बरयतात. पूण आमी हो इतिहास प्रत्यक्ष भोगला. तुमचेकडेन सहानुभूतीचे अपेक्षेन येवपी आमीच शिखंडी. म्हजें म्हाकाच कळना हें सगळें तुमकां सांगूंक तुमचे म्हऱ्यांत कित्याक आयलों.' अशें म्हणटना मोहनदासाचें काळे पोले तिडकीन तांबडेच जाल्ले.

ताका तिडक हाडची न्हय हाचो विचार करून सत्यान विचारलें, 'तें आसूं. आतां तो खंय आसा?'

'कित्याक.'

'जाणून घेवपाखातीर विचारलें.'

'तुमी आतांच बसस्टँडार धांवन वचून, मेळटा ते गाडयेन थंय वचून ताका फुसलावन समजावपाखातीर काय कितें?'

सत्यान तागेलो चेहरो लक्ष दिवन पळयलो. तिडकी बराबर तागेले नदरेंत घृणा, तिरस्कार लेगीत दिसून येतालो. सत्यान म्हणलें, 'ताका फुसलावपाक

समाधान करपाक न्हय. इतलें सगळें सांगलें न्ही तुमी, आता फुडलेंय सांगात, खंय आसा तो?'

'तुमकूरांतले गल्लींतल्यान 'हांव शिखंडी न्हय - हांव शिखंडी न्हय' अशें म्हणत भोंवतालो. रस्त्यावयल्या भुरग्यांक आपलो असोच परिचय करून दितालो. ते ह्याच नांवान ताका उलो मारताले. आमगेले भुरगे ताका चाळोवन, गल्लींतल्या हेर भुरग्यांक शिकोवन येताले. तागेल्या ऑफिसांतल्या कारकूनाक तो खंय आसा हें खबर नाशिल्लें खंय. काल सकाळीं तागेले बशीच्या एका कंडक्टरान ताका पळयलो आनी तो ताका वळखलो खंय. कारकूनान बेंगळूराक फोन केलो आनी तागेलो अप्पा येवन काल सांजवेळा मोटारीन ताका घेवन गेलो. ताका मोटारींत बसोवपाक खूब त्रास पडले खंय. आमगेल्या भुरग्यांनी सगळें सांगलें.'

'तुमी ही गजाल अप्पाजींक सागंली?' सत्यान विचारलें.

'सांगलीना. तुमी सांगपाक सोदतात?' अशें विचारून मोहनदासान रोखडोच आपलो आवाज वाडोवन, 'जर सांगपाक म्हूण, आमगेले वसतेंत आयल्यार तुमकां हांव मोन्यांनी सोडचों ना. खबरदार.' अशें म्हणलें.

सत्यान ताचेकडेन टक लावन पळयलें. आपल्या निर्णयावयल्यान मोहनदास मात लेगीत फाटीं सरचो ना. हें ताच्या चेहऱ्याच्या भावावयल्यान स्पश्ट जाणवतालें. सत्या आपलें तोंड फिरोवन दाराकडेन पळयत बसलें.

मोहनदासाक कळ्ळें. हे खबरेन सत्याचें मन उचांबळ जालां म्हूण. कांयवेळ ओग्गी बसून मोहनदासान म्हणलें, 'फाल्यां सकाळीं धा वरांचेर देवस्थान प्रवेश करपाचें थारायलां. तुमी पळोवपाक येतल्यो न्हय?'

'खरें सांगात. तुमचो त्या देवाचेर विस्वास आसा?'

'हांव?' म्हणून दांत कड्डीत एक मिनीट ओगी रावतकीच ताणें म्हणलें, 'जर हांवें गाळयांचो उपेग केल्यार आमगेल्या देवाचो तिरस्कार केलो, अहंकार दाखयलो म्हूण तुमी उपदेश करपाक येतल्यो. तेखातीर शांततायेन सांगतां, म्हजो विस्वास ना. जर त्या देवाविशीं कसलेय भाव आसत जाल्यार ते फकत तिरस्काराचे. इतलेंच.'

'तशें जाल्यार ते देवळांत प्रवेश करपाक हो येत्न त्री कित्याक?'

'कित्याक? इतलीं शेकड्यांनी वर्सांसावन ताणें आमचो तिरस्कार केला म्हूण.'

हो एकेतरेचो विचित्र संबंद कसो दिसलो. मोहनदास फाल्यां प्रवेश करता. तो देवळांतल्या देवाचो दुस्वास करता. तिरस्कार करता. हांव आक्षेप घेतलें

म्हूण ताणे गाळींचो उपेग केलो ना. नाजाल्यार बुटानीं फोडून काडपाचीं, खांकून तोंडाचेर थुकपाचीं उतरां वापरतलो आशिल्लो काय कितें! 'धरून खोंटानी मारपाक जाय' असलीं उतरां तागेल्या तोंडांतल्यान सहज भायर सरतात. पूण इतलेच खातीर, ज्या देवान शेकड्यांनी वर्सांसावन तांचो तिरस्कार केलो म्हूण त्या देवळांत प्रवेश मेळोवपाखातीर इतलो येत्न करतल्या मोहनदासाच्या मनांत त्या देवाविशीं तिरस्कारूच आसतलो काय? मोहनदासाच्या गाळींक निंदा-तुस्त म्हणपाक जातलें? तागेल्या मनांतले भावनेक विरोधभक्ती म्हणपाक जातलें? अशे प्रस्न सत्याच्या मनांत आयले. सत्यान विचारलें, 'जर तुमगेल्या सदच्या प्रवेशाक कोणेच विरोध केलो ना, जाल्यार तुमी कितें करतले?'

'कितें करतले?' सत्याच्या प्रस्नाचो परतो उच्चार केल्ल्या मोहनदासाक जाप येवजली ना.

'सदांच देवळांत वचपाचें बंद करतले? प्रवेशाक विरोध आसल्यार ते जिद्दीन तरी देवळांत वचनशें दिसता. विरोध नासल्यार ती जिद्दूय उरची ना. खरी भक्ती आसले बगर, आपलें काम सोडून कोणूच बेश्टोच देवळांत वचना.'

सत्याच्या ह्या उलोवण्यान तो सामको गडबडलो. पूण कितें तरी येवजून ताणें म्हणलें, 'हो फकत भक्तीचो प्रस्न न्हय. इतले दीस तांणी आमकां देवळांत येवपाक दिलें ना. आतां भितर वचून हात जोडून गुलामावरी उबे रावन जावचें ना. आमकां पुरोयत जावंक जाय. आमी मंगळाआरत दाखयतना आतांमेरेन आपूण वयर म्हूण मिरयताले तांणी हात जोडून उबे रावपाक जाय. तितलेमेरेन आमकां लडपाक जाय.'

'दुसरे लोक हाचो स्विकार करचे नात.'

'कित्याक स्विकार करचे नात? सगळें अधिकाराचेर अवलंबून आसा. आमच्या लोकांची संख्या कितली आसा, म्हाका आतां कळ्ळी. खंयचेय एके जातीपरस आमगेली संख्या चड आसा. जेतरेन दुसरे एक जाल्यात, तशे आमी एक जाले जाल्यार अधिकार आमच्या हातांत येतलो. आयजमेरेन आमकां पांयापोंदा माडयले. आतां ह्या वयले जातींच्या लोकांक आमका पायापोंदा माडोवपाक मेळटले. तांका सांगपाक शकतले, देवळाच्या हुमराभायर उबे रावात आनी मंगळारत घेवन वचात.'

'हाकाच समानता म्हणटात?'

'चार हजार वर्सांसावन समानता खंय आशिल्ली? आमी फकत समानतेखातीर लडनात. तांकां पांयापोंदा माडोवन तांचेर राज्य करप होच

आमगेलो मुखेल हेत आसा. तांणी आमगेल्या शेतांत कश्ट करपाक जाय. इतले दीस तांणी आमगेल्या बायलांक केल्लें तशें आमी तांगेल्या बायलांक करपाचें... आसूं दी.' अशें म्हणून मुखार कांयच उलयनासतना ओग्गी रावलो.

सत्या कांयच उलयलें ना. ताणें कांयच विचारलें लेगीत ना. आपल्या निमण्या वाक्याचो पुराय अर्थ कळटकीच मोहनदासाक लज दिसली. सत्या मुखार आपणें अशें म्हणपाक जायनाशिल्लें अशें ताका दिसलें. दोन मिणटां मनांतल्या मनांत लजेल्लेवरी जालो. मागीर आपलें अंर्तमन उक्तें करून दाखोवपाखातीर ताणे म्हणलें, 'सत्या, तुमी गैरसमज करून घेवंनाकात. हांवें तुमकां त्या अर्थान उंचेल्या वर्गाच्यो केन्नाच मानल्यो नात. नाजाल्यार तुमच्या म्हऱ्यांत येवन हें सगळें कित्याक सांगतलों आशिल्लों? तुमकां येवन सांगलेशिवाय म्हज्या मनाचें समाधान जायना. पूण तुमी मात...' अशें ताणे आडखळत सांगलें.

'कितें?' अशें सत्यान आपल्याक कांयच कळनाशिल्लेभशेन विचारलें.

'तुमकां समजतलें अशेतरेन कशें सांगूं?' अशें म्हणटना तागेलें तोंड तांबडें जाल्लें.

'फाल्यांच्या कार्यक्रमाची आनीक कितलीतरी वेवस्था करपाची उरल्या आसतली! तुमकां कळाव जातलोसो दिसता.'

तागेलो चेहरो सट्‌करून देंवलो. दोन मिणटां तसोच बसून रावलो. उपरांत भायर येवन पांयांत बूट घालून 'फाल्यां तुमी मुजरत देवळांत येवपाक जाय.' अशें सांगून थंयच्यान गेलो.

मोहनदासाक वचून दोन वरां जावन गेल्लीं. पूण सत्याक कसलेंच काम करपाची इत्सा जाली ना. तें ओग्गी बसून रावलें. मोहनदासाच्या उलोवण्यान सत्याच्या मनाक धक्को बसलो. फकत समानता न्हय. वयल्या जातींच्या लोकांक पायपोंदा माडोवन राज्य करपाचें तागेलें ध्येय खंय. देवळांत आपणे पुरोयत आनी वयल्या जातीच्या लोकांनी हात जोडून उबे रावपाक जाय खंय. हेरांनी तागेल्या शेतांत कश्ट करपाक जाय आनी तांगेल्या बायलांक हे लोक... ह्या उतरांनी सत्याच्या मनांत मोहनदासाविशीं तिरस्कार निर्माण जालो. तागेल्या यादीनूच सत्याच्या मनांत द्वेशाच्यो भावना उत्पन्न जावंक लागल्यो. असल्या थरावयल्या मनशाकडेन हांवें इतलो संबंद दवरून चूक केली अशें ताका दिसलें.

दनपरां एक वरामेरेन सत्या तशेंच बसून रावलें. मागीर रांदपाखातीर भितर गेलें. तितले म्हणसर मन मात्शें ल्हव जाल्लें. सत्याक दिसलें हो फकत एकल्या मोहनदासाचो मनोभाव तर न्हय! खूब दीस पांयापोंदा माडोवन आयिल्ली जात

आपले गुलामींतल्यान मुक्त जावन, दुसऱ्यांचेर गुलामी लादप, सूड घेवपाखातीर दुसऱ्यांक पांयापोंदा माडोवप ही काय नवी गजाल न्हय. क्रांतीच्या मार्गान समानता मेळोवपी पंगड मागीर चड करून शोशक वर्ग जाता. मोहनदासाचे जातवाले हाका अपवाद नात. हो विचार आपले मनांत इतले दीस कित्याक आयलो ना हाचें सत्याक अजाप दिसलें. एक नवें सत जाणून घेवपाचें अजाप आनी भंय दोनूय वांगडाच जागे जाले.

रांदप करून, जेवन जातकीच सत्याक मोहनदासाच्या निमाण्या वाक्याची याद जाली. ताणें ही सुचोवणी पयलेच फावटी करुंक नाशिल्ली. हाचे पयलीं ताणें खूब फावटी परगटायिल्ली. कांयच कळनाशिल्लेभशेन हांवूच ओग्गी राविल्लें. म्हाका ताचेविशीं कसल्योच भावना मनांत नाशिल्ल्यो. पूण म्हगल्या आनी मोहनदासाच्या संबंदाक लागून भितरले भितर श्रीनिवास जळटालो. मोहनदासाकूय म्हजेविशीं जाळ मारताले, कित्याक म्हणल्यार म्हगलें श्रीनिवासाकडेन आपुलकेचें नातें आसा म्हूण. मोहनदासाचो उर्मटपणा आनी कुड्ड्या दुस्वासा फाटलो अर्थ जाणून-समजून घेवपाचो सत्या सदांच येत्न करतालें. पूण ही सहानुभूती मोहनदासाचे इत्सेप्रमाण, तागेली बायल जावपा इतली नाशिल्ली. हो विचार लेगीत तागेल्या मनांत दुसरेतरेन आपलें मूळ सोदतालो.

मीराचें अशें जावपाक नैतिक नदरेन पळोवपाक गेल्यार हांवूच ताका जापसालदार आसां अशें सत्याचें मन भितरले भितर म्हणटालें. वेंकटेशान म्हणिल्ले प्रमाण मीरा आनी श्रीनिवासाचें लग्न आपणें प्रतिकार भावनेन थारायिल्लें? हें ताणें स्वता आपल्या अंतर्मनाक विचारलें. पूण ह्या प्रस्नाचेर विचार केलो जाल्यार वेंकटेशाचे कुटील बुद्धीचेर उजवाड पडटालो . म्हज्या मनांत हो असो विचार नाशिल्लो. पूण हांवें हो सल्लो कित्याक दिलो? श्रीनिवासाक समजावन फुसलावन तागेलें मन वळोवपाचो येत्न कित्याक केलो? ताका योग्य बायल मेळची म्हूण म्हजी ही सात्विक इत्सा आसतली. एकाद्रें मीरा ताका योग्य चली आशिल्ली हें न्हयकारपाक जायना. पूण ह्या लग्नाक श्रीनिवासाच्या घरांतल्यान निश्चित न्हयकार मेळटलो हें खबर आसून लेगीत हांवें हे दिकेन कित्याक इतले येत्न केले? म्हजो सुदारणेचो अतिरेक जालो काय कोण जाणा! सुदारणेखातीर योग्य व्यक्तित्व नाशिल्ल्या श्रीनिवासाचेर परतो विस्वास दवरून मीराची ही गत जाली. हे सुदारणेच्या बोवाळांत एक मृदू जीव बळी गेलो. कसलो हो अन्याय! हें सगळें येवजून सत्या दुख्खी जालें.

अकस्मात सत्याच्या मनांत एक विचार आयलो. दुसऱ्याचे मजतीन सुदारणा घडोवन हाडपाचो येत्न करप समा न्हय. सुदारणा आपले कडल्यान, आमचे भितर जावंक जाय. पूण कशी जातली? रोखडीच सत्याच्या मनान जाप दिली, 'जर हांव मोहनदासाकडेन लग्न जावंक तयार जालें जाल्यार ही सुदारणा जावची ना?' मीराच्या दुख्खी मरणाखातीर म्हाका प्रायश्चित करपाची संद मेळटली.

मनांत आयिल्ल्या विचाराक अनुसरून चलप हो सत्याचो सभाव आशिल्लो. आपणें मोहनदासाकडेन लग्न जावपाक कसलीच चूक ना. कोणेय विरोध केल्यार लेगीत ताची म्हाका पर्वा ना. वेंकटेश गाळी मारून थंयच्यान वतलो. गांवांतले ब्राह्मण आनी दुसऱ्या जातींतल्या लोकांची हीच धारणा आसा की, हांव ब्राह्मणत्वाक, बरे जातीचे आचार-विचार जाणा जावन त्याग करपी बायल म्हूण. कोणूच हे बाबतींत लक्ष घालचो ना. चडांत चड फाटल्यान जाय तितले खबरो करतले. अशी धिटाय सत्याच्या मनांत आशिल्ली.

पूण तागेलें अंतर्मन ल्हवूच सांगतालें - हें यशस्वी जावचें ना. ह्या लग्नान हांव सुखी जावचें ना. मोहनदास आनी आपलेभितर केन्नाच पटचें ना इतलें अंतर आसा. फकत सांस्कृतिक नदरेन न्हय, सभाव आनी मुलभूत दिश्टीकोणांतूच अंतर आसा. म्हाका नाजाल्यार ताका सुदारचें पडटलें. वा तागेल्या मार्गाचो पुरायपणान स्विकार करचो पडटलो. सदांच सकाळीं उठून घोवाक सुदारपाक गेल्यार दांपत्य जिवितांत रस कसो येतलो, असो विचार मनांत आयलो.

ताचेकडेन लग्न जायनासतना तशेंच रावलें जाल्यार. आपल्या विचारांत, आपले श्रद्धेंत हारिल्लेवरी जातलें - असो एके तरेचो हट भितरल्यान उकसून येतालो.

पूण मोहनदासाची सकाळीं जाल्लीं उलोवणीं तागेल्या ह्या हटाक मोव करून गेलीं. वयल्यो हेर जाती माडोवन उडोवपाचो तागेलें आनी तागेल्या क्रांतीकारी पंगडाचें ध्येय खंय. हेर जातींतल्या दादल्यांक तागेल्या शेतांत काम करपाक लावप आनी तागेल्या बायलांक आमगेल्या लोकांनी... काय हेच तामसी प्रतिशोध-भावनेन प्रेरित जावन तो म्हजेकडेन लग्न जावपाक सोदता? ह्या विचारान ताका घाम फुटलो. श्रीनिवासानूय सोऱ्याचे घुंवळींत मीराक म्हणिल्लें, अस्पृश्य बायलो फकत मजा मारपाखातीरूच आसतात. ती तागेल्या अंतर्मनांतली खरी गजाल अशें मीरान सांगिल्लें. खरेंय आसत. मोहनदासाचें मन लेगीत असलेंच जालें! श्रीनिवास आनी मोहनदास दोगूय एकाच धातूचे पुतळे! ह्या विचारांनी तागेल्या मनांत खवदळ घालो.

रातीं लेगीत होच विचार ताच्या मनांत घुंवपाक लागलो. मध्यान्नेर तागेलें मन एका निश्कर्शाचेर पावलें. मोहनदासाक, तागेलें ध्येय आनी दिश्टीकोण बदलपाचो म्हाका येत्न करपाक जाय. पूण ताचेकडेन लग्न जावपाक जायना.

ह्या निश्कर्शाचेर येवन पावतकीच सत्या श्रीनिवासाविशीं विचार करपाक लागलें. मीराक अशें केल्लेखातीर श्रीनिवास जें भोगता तें योग्य अशा विचारान कांय वेळ सत्याच्या मनाक शांतताय मेळ्ळी. पूण पिशें लागिल्ल्या मनशाविशीं अशें येवजुवप म्हणल्यार हीनपण हें तागेले विवेकबुद्धीन जाणोवन दिलें. आपणें जर असो विचार केलो जाल्यार आपल्या पिशें लागिल्ल्या अप्पाक तिडावन आत्महत्येक प्रवृत्त करपी मोहनदासाभितर आनी आपलेभितर कसलो फरक उरतलो? सकाळीं बेंगळूराक वचून श्रीनिवासाक पळोवन येवपाचो विचार सत्याच्या मनांत आयलो. पूण आपल्याक पळोवन ताचें समाधान जातलें काय तागेल्या मनाची उद्विग्नता वाडटली? बेंगळूरांत गेल्यार थंय तागेलो बापूय आसतलो. भितरलो विशय धांपून, 'पळय, तुगेल्या मोगाक लागून तागेली अशी दशा जाली. लग्नाक तयार जा.' अशें म्हणटलो असो सत्यान अदमास काडलो. आतां हांवें थंय वचून कांयच करपाचें ना. बेंगळूरांतूच मनोरोगाचें हॉस्पीटल आसा. तागेलो बापूय मंत्री. हॉस्पिटलांतल्या खंयचेय दोतोराकडल्यान उपचार करून घेवंक शकतात. आतांमेरेन उपचार सुरु लेगीत केला आसतलो -ह्या विचारान सत्यान आपलें समाधान करून घेतलें. पूण श्रीनिवासाचे हे स्थितीक लागून सत्याची चिंता मात कमी जाली ना.

## 2

नवरात्रांतल्या पाडव्याच्या दिसा म्हार-मांग श्रीनिवासाच्या देवळांत घुसतले हे खबरेन सगळो गांव भियेल्लो. देवळांत घुसपाचो हो तांगेलो पयलोच येत्न नाशिल्लो. बारा वर्सांपयलीं एक फावटी येत्न केल्लो. तेन्ना मंत्री आशिल्ल्या मेलगिरीगौडान फुडाकार घेवन तो बेट्टटय्यांक भितर घेवन गेल्लो. सगळे हरिजन भितर प्रवेश करून तीर्थ-प्रसाद घेवन वतकीच कांय वेळान सगळ्या गांवान मेळून देवळाक शेण आनी गोमूत्रान धुल्लें आनी देवाक पुण्याहवाचन, अभिशेक आनी मंगळारत दाखोवन भश्टकार काडून उडयिल्लो. ताचे उपरांत म्हार-मांगानी परतो देवळांत येवपाचो विचार करूंक नाशिल्लो.

पूण आतां तांणी शडयंत्र मात्शें विगड रचलां. पाडव्याच्या प्रवेशाउपरांत तांगेले वसतेंतले दोगजाण सदांच नाल्ल फोडपाक येतले. मागीर देवाक सदांच

पुण्याहवाचन करपाक जाता? पुराय देवूळ कळसासावन, फरशेमेरेन सदांच धुवप शक्य आसा? ह्या चांडाळांक पयल्याच दिसा आडावपाक जाय अशीं उलोवणीं करपाखातीर लोक व्हडल्या पटेलाम्हऱ्यांत गेले.

आपले नातवान मांग चलयेकडेन लग्न जावपाचो हट धरिल्लो हें आयकत सावन व्हडलो गौडा भियेल्लो. तुमकूरांत वचून ताका वेताचे बडयेन बडोवपाचो विचारूय ताच्या मनांत आयिल्लो. पूण तशें केल्यार ताचो हट आनीकूय वाडटलो अशें चल्यान - मेलगिरीगौडान सांगतकीच ते ओगी रावले. आतां तें चलीच तळ्यांत उडी मारून मेलें हें कळटकीच 'घोड्याकडेन लग्न जावंक गेल्ल्या कोलगाक हीच ख्यास्त.' अशें म्हूण तांणी आपलेंच समाधान करून घेतलें. नातवाची आतांची परिस्थिती ताका कळूंक नाशिल्ली. जेन्ना गांवकारी तांचेकडेन कागाळ घेवन आयले तेन्ना तांगेलें पाळेगाराचें रगत उसळिल्लें आनी तांणी, गांवकाऱ्यांनी एकठांय जावन देवळाकडेन वचचें आनी देवळांत भितर सरपी म्हारा-मांगाक चांचावचे असो हुकूम सोडलो. हें आय़कून जमिल्ल्या गांवच्या लोकांक उमेद जाली.

पूण धा मिणटां वेळान पाविल्ल्या वेंकटेशान म्हणलें, 'तशें करपाक जावचें ना. सदांच पेपरांत खबरो येत आसात. चीफ मिनिस्टरानूच पुलीस धाडपाचो आदेश दिला.'

'कोण रे हो चीफ मिनिस्टर? म्हज्या चल्यापरस वयलो काय कितें?' अशें व्हडल्या गौडान तिडकून विचारलें.

'ते लोकूय जर मारामारी करपाक आयले आनी तांची मडीं पडलीं जाल्यार रिझर्व्ह पुलीस येतले. सगळ्या गांवांक बंदखणेंत घालतले. तेखातीर अशें जावंक जायना. हुशारेन विचार करून काम करपाक जाय.'

वेंकटेशाचें उलोवणें खूब लोकांक पटलें.

'तुमी सांगतात तें योग्य आसा. कितें करपाचें तें तुमी सांगात, वेंकटेश.' अशें तांणी म्हणलें.

'विचार करून सांगतां. पूण काम जातलेंच हाची गॅरंटी दिवपाक शकना. बेट्टटय्याचो चलो मोहनदास सामको घातकी चेडयेचो. तरीकूय येत्न करपाचें काम आमगेलें.' अशें वेंकटेशान आश्वासन दिलें.

वेंकटेशाच्या आस्वासना उपरांत सभा सोंपली.

त्याच दिसा सांजवेळां सब-इन्स्पेक्टरान व्हडल्या गौडाच्या घराकडेन येवन हात जोडून म्हणलें, 'सरकाराकडल्यान सरळ सर्क्युलर आयलां. हें तालुक्यातलें मुखेल देवस्थान. सर्कल्-इन्स्पेक्टर एकाद्रे येतले. कोणेय

कसलोय बोवाळ केलो जाल्यार आमकां आमची ड्युटी करची पडटली. तुमी तांचेकडेन जाय तितलो वाद घालून तांकां परते धाडात. आमचो ताचेर कसलोच आक्षेप ना. आमगेलें देवळाचें पावित्र्य तशेंच उरपाक जाय अशें आमकांय दिसता.'

गांवांत इतली म्हत्वाची घडणूक घडटासतना हो बेंगळूरांत बसून कितें करता? अशें न्हय तें तशें करात म्हूण येवन सांगपाक जायना? वा त्या चेडयेच्यांक सांगून हें सगळें टाळपाक जायना? मंत्र्याचें उलोवणें मांगान आयकून घेवंकूच जाय. अशें म्हूण व्हडलो पटेल आपल्या चल्याचेर फडफटालो.

पाडव्याच्या दिसा सकाळीं सात वरांचेर पुलीस अधिकारी आनी धा कॉनस्टेबल देवळाचे उंचायेर वचून बसले. आठ वरांचेर गांवातले लोक येवपाक लागले. नरसिंह पुरोयत देवळाचें दार उक्तें करून पुजा करपाखातीर देवळांत गेले. स्मार्तांचो वेंकटेश, श्रीवैष्णवांचे कुप्पण्णयंगार, माध्वाचे वेंकण्णाचार हांच्या फुडारपणाखाला तिनूय संप्रदायाचे ब्राह्मण दादले थंय आयले. मल्लनायकाच्या नेतृत्वाखाला वाल्मिकी ब्राह्मण, ईराचार्यांच्या फुडारपणाखाला विश्वकर्म ब्राह्मण, तोटप्पाराध्याच्या नेतृत्वाखाला लिंगायत, सौद्रेगौडाच्या नायकत्वाखाला काळीदास, मेलुसक्करे, सातानी, कोष्टी, गांवांतले समेस्त मतांतले दादले थंय एकठांय जाल्ले.

इतल्या लोकांक एकठांय जमिल्ले पळोवन धा जाण पुलीस आनी पुलीस अधिकारी भियेले. कितेंय घडल्यार तांकां आडावंक जातले काय ह्या विचारान सब-इन्स्पेक्टर चिंतेस्त आसलो तरी वयलेवयर मात धिटाय दाखोवन 'कोणेच बोवाळ करपाक जायना, सरकाराचो हुकूम आसा.' अशें म्हणून सगळ्यांक एका जाग्यार उबे करपाक लागलो. लोकांभितर वाद सुरू जालो. ते तेमकेर कोणे खंय उबें रावपाचें. पयलीं व्हडलो गौडा, ताच्या शेजरा वेंकटेश, ताचे उपरांत ब्राह्मण, ताचे उपरांत लिंगायत अशें कोणेतरी सांगतकीच रोखडेच लिंगायताचे मुखेली तोटप्पाराध्य म्हणपाक लागलो, 'आमी ब्राह्मणापरस कमी न्हय. आमीच पयलीं उबे रावंक जाय. नाजाल्यार आमी परते वतात.' 'नाय जाल्यार हें विष्णूचें देवूळ.' अशें म्हणून सगळे आपापल्या पंथाचें म्हत्व मांडपाक लागले. निमाणे वेंकटेशान प्रवेश केलो आनी म्हणलें, 'आतां आमचेभितर मतभेद आसप समा न्हय. एकमतांत जय, अनेकमतांत हार आसा.' अशेतरेन वादान झगड्याचें रुप घेतलें ना. कोणूय खंयूय उबो रावंक शकता ह्या निर्णयाचेर पावले.

सत्यान थंय येवपाची संद वगडायली ना. साडे णव वरांचेर तें देवळाच्या चडावाचेर आयलें. गांवातले सगळे एकठांय जमल्यात. पूण कोणूच बायलमनीस आयली ना. मारामारी जायत म्हूण दादल्यांनी तांकां येवंक दिलें ना दिसता, अशें सत्याक दिसलें. पूण एकूय बायल नासत जाल्यार, आनी आपूण एकलेंच गेल्यार सगळे आपल्याकूच पळयतले हाची सत्याक लज कशी दिसली. ह्याच जाग्यार, पयलीं एक फावट सभा भरिल्ली आनी आपूण उलोवपाक उबें राविल्लें, पूण घुंवळ येवन पडिल्ल्याची याद जाली. परत घराकडेन वचचें असो विचार सत्याच्या मनांत आयलो. पूण आयची घडणूक पळोवपाकूच जाय असो सत्यान निश्चेव केलो, आनी तें देवळाच्या प्राकारांत एका कोनशाक वचून उबें रावलें. ताका पळोवन कांय जाणांनी म्हणलें, हें तर सामको दादलोच कशें. ब्राह्मणाचे सगळे मुखेली ताकाच पळयत आपलेभितरूच उलोवंक लागले. पूण सत्यान तांचेकडेन लक्ष दिलें ना.

कांयवेळान गांवाकडल्यान व्हडलो गौडा देवळाचे दिकेन येतात तें दिश्टी पडलें. धवें फुल्ल रेशमी पुडवें, शर्ट आनी धव्या कोटाचेर हळडुवी रंगाची शाल वेवस्थीत दोडून घाल्ली. चेहऱ्याचेर पाळेगारांचें वैशिश्ठ्य म्हूण दाट धव्यो मिशो उठून दिसताल्यो. माथ्यावयलो राजेशायीचो जरीचो फेटो, पांयांत जोतीं घाल्लीं. चेहरो गंभीर आशिल्लो. फाटल्यान ताच्या माथ्याचेर नोकरान एक सत्री उक्ती करून धरिल्ली. भोंवतणी अंगरक्षकावरी चार नोकर आशिल्ले. तातुंतल्या एकल्यान कृष्णजिनाची लोळी धरिल्ली.

'आहा. आमगेले व्हडले पटेल सेनाधिपती भीष्म पितामहासारके दिसतात.' अशे कुप्पण्णय्यंगारान उद्‌गार काडले. सभेंत उमेदीचें वातावरण पातळ्ळें. वेंकटेशान मात म्हणलें, 'अय्यंगार, अमंगळ कितेंय उलोवंनाकात.' 'तशें न्हय, हांवें सहज म्हणलें' आनी तो ओग्गी रावलो. सोंपणाकडेन आपलीं जोतीं काडून दवरून व्हडलो पटेल देवळाच्या दाराकडेन मुखार आशिल्ल्या फातराचेर उबो रावलो.

सब इन्स्पेक्टर तांच्या म्हऱ्यांत येवन म्हणपाक लागलो, 'तुमीच व्हडले. तुमी कसलोच बोवाळ करूंक दिनासतना हे सभेक बरें रूप दिवपाची तुमची जापसालदारकी.'

इतल्यांत बांदावयल्यान आवाज आयकूंक आयलो. लोक सगळे तेवटेन पळोवंक लागले. माडां कुशींतल्यान ताळयांच्या तालाचेर कांय भुरगे 'रघुपती राघव राजाराम, पतित पावन सीताराम' म्हणत येताले. कांयवेळान ती एक मिरवणूक म्हूण लक्षांत आयलें. मिरवणूक तळेबांदाचेर आयली. लोकांक

वळख पटली. मुखार मोहनदास आशिल्लो. ताच्या फाटल्यान धा-पंदरा तरणाटे आशिल्ले. सगळ्यांनी धव्योफुल्ल लुंग्यो न्हेसून वयर धवे शर्ट घाल्ले. मुखार आशिल्ल्या तरणाट्याच्या हातांत एक व्हडलो फोटो आसा. दुसऱ्याच्या हातांत जळटी मशाल. तांचेफाटल्यान हरिजन दादले. सगळे पुडवें न्हेसल्यात. तांचेफाटल्यान बायलो. मिरवणूक बांदाचे मदेकांत येवन रावली. सगळ्यांनी तळ्यावटेन वळून बागोवन हात जोडले.

'ह्याच जाग्यार न्ही बेट्टय्यांचें चली बुडिल्लें?' अशें एकल्यान दुसऱ्याक विचारलें.

'हय. फाटल्या वर्सा पुरोयत वेंकटरमणय्या हांगाच बुडिल्ले. सामको वायट जागो. ते थंय कितें करतात?' अशें एकल्यान विचारलें.

उपरांत मिरवणूक मुखार वचून बांदावयल्यान सकयल देंवपाक लागली. मिरवणूक एका व्हडल्या जिवाण्यावरी दिसताली. मोहनदास त्या जिवाण्याची तकली कसो दिसतालो. 'रघुपती राघव...' अशें म्हणून ते देवळाचो चडाव चडटना इनस्पेक्टरान म्हणलें, 'शांती, शांती. चलात, सोपणाकडेन जागो सोडात.' देवळाच्या प्रकाराच्या कोनशाक पांय घट दवरून उबें रावन सत्या बारिकसाणेन सगळें दृश्य पळयतालें. मुखार भुरग्यांभितर होन्नेशान हातांत मशाल धरिल्ली. उरिल्ले भुरगे शाळा वा कॉलेजींतले आसतले. सगळ्यांनी कपलाचेर तांबडे नाम लायिल्लें. प्रत्येक तरणाट्याच्या मुखामळाचेर तिरस्काराची भावना स्पश्ट झळकताली. तेचबराबर कितेंतरी नवें सादोवपाची धिटाय आनी उत्साह तांचेभितर आशिल्लो. होन्नेशाचो चेहरो, झिमड्यो मारपाक येवपी पाड्यावरी दिसतालो. कोणाची भीड, मुरवत बाळगिनासतना मोहनदास मिरवणुकेंत मुखार सरून एकेक सोंपण चडटालो. सत्या आपल्या पांयांच्या बळाचेर फाटल्यान पळयतालें. दादल्यांची रांग जातकीच बायलांची रांग. बायलांचे रांगेत बेट्टय्यांची बायल आनी मातंगीय वांगडा आशिल्ली. सगळी रांग सोंपतकीच निमाणे बेट्टय्या आपलें सदचें खादीचें पुडवें, खादी शर्ट आनी धवी तोपी ह्या भेसांत निखट्या पांयांनी हात जोडून येताले.

मोहनदास आपल्या समर्थकांवांगडा सोपणां चडटालो. पुलीस दोशींवशीं उबे रावन तांकां वाट सोडटाले. व्हडले पटेल व्हडल्यान आड्डले 'आमी कितें सांगतात तें पयलीं कांय खीण आयकात आनी मागीर भितर वचात. हो भुरग्यांचो खेळ न्हय.'

'तांगेलें मात्शें आयकात.' अशें सब-इन्स्पेक्टरान म्हणटकीच मोहनदास रावलो. हेर लेगीत रावले.

वेंकटेशान सगळ्यांक आयकूंक येतलें अशा व्हडल्या आवाजांत म्हणलें, 'हें पळयात, तुमी काय विंगड न्हय. आमगेलेच भाव. आमगेल्या शिश्यवर्गांतलेच आसात. देवस्थानांत भितर येवपाची ही तुमगेली पयलीच खेप न्हय. बारा वर्सांपयलीं अशेच तुमी आयिल्ले खंय. तेन्ना परते येवपाचें मदींच कित्याक सोडून दिलें हें म्हाका जाणून घेवंक जाय. नेमान तुमी सदांच येत रावपाक जाय आशिल्लें. आठशीं वर्सांपयलीं श्रीरामानुजाचार्यांनी तुमकां देवळांत प्रवेश दिवपाक जाय अशें थारायिल्लें खंय. ह्या संप्रदायाप्रमाण वर्सांतल्यान एक फावटी तुमच्या लोकांनी देवळांत येवपाची प्रथा कितल्यातरी देवळांतल्यान चालीक लागल्या खंय. आमच्या गांवात ती कित्याक चालीक लागची न्हय. हिकाच निर्धारीत तीथ अशी मानून हाचे उपरांत प्रत्येक नवरात्रांतल्या पाडव्याच्या दिसा तुमी सगळ्यांनी गर्भकुडीच्या दारामेरेन येवन मंगळारत करून तीर्थ-प्रसाद घेवन वचपाक शकता. ताका पुलिसांची- बिलींसाची कांयच गरज ना. कितें म्हणटात तुमी? महासभेन हाचेर निर्णय घेवंक जाय.'

सगळे एकचित्तान आयकताले. वयल्या जातींतल्या बुदवंत लोकांक वेंकटेशाच्या उलोवण्यांतलो धूर्तपणा लक्षांत आयलो आनी तांणी म्हणलें, 'हागेली तकली म्हणल्यार तकली.' पूण उरिल्ल्या लोकांनी 'बडोवन धांवडावपाचे सोडून, हो वर्सांतल्यान एक फावटी अशें कित्याक म्हणटा?' अशी आड्डी मारली.

मोहनदासान व्हडल्या आवाजांत जाप दिली. 'म्हणल्यार वर्सांतल्यान तिनशीं चौसश्ठ दीस तुमी शूद्रच रावात. आनी एक दीस देवळांत येयात. त्या दिसा आमी पयस रावतात. तुमी येवन वतकीच सगळें देवूळ चिंचेउदक घालून धुवन काडटले. हें मत आसा न्हय तुमचें? हें तुमगेलें चलचें ना. आमी सदांच येतले.'

'तशें जाल्यार एक काम करात.' वेंकटेशान रोखडेंच म्हणलें. 'तुमी म्हणटात तें खरें. देव म्हणटकीच सदांच ताचें दर्शन घडपाक जाय. कनकदास म्हान भक्त आशिल्ले. तांणी केल्लें तशेंच करात. देवस्थानाचे फाटलेवटेन वणटीक एक बुराक करुंया. बुराक म्हणल्यार व्हडलोच. सदांच तुमी खंयच्याय वेळार जाय जाल्यार येवन फाटलेवटेन प्राकारांत उबे रावन दर्शन घेवंक शकतात. मुर्तीचें मुखावळ मुखार आसता न्हय, आमकां फकत फाट दिसतली अशें तुमी म्हणटले. तशें जाल्यार तुमकां दिसता तशी विंगड एक मूर्तच करून दवरुंया. नाजाल्यार तुमकां मूर्तीचें पडबिंब स्पश्ट दिससारको व्हडलो हारसो दवरुंया.'

'कितेंय आसलें तरी आमकां भायरूच दवरपाचो तुमगेलो डाव.' मोहनदासान रोखडीच जाप दिली. 'तें कांयच चलचें ना. आमी देवळाच्या मुखावयल्यानूच सदां भितर वतले. इतलेंच न्हय, आमी कित्याक देवस्थानाचे पुरोयत जावचे न्हय असो आमचो प्रस्न आसा. तुमगेले मंत्र बिंत्र शिकयात, आमी शिकतात. आमचे भितर जो कोण बरो शिकता, ताका पुरोयत म्हूण नियुक्त करात. आमच्या लोकांनी पुजा करून दिल्लें तीर्थ तुमच्या लोकांनी घेवपाक जाय. अशी समानता आमकां जाय.'

देणगी रुपान मेळिल्ले जमनीचेर ह्या घातकी चेडयेच्याचो दोळो आसा काय कितें? असो विचार वेंकटेशाच्या मनांत रोखडोच आयलो. आमी सगळ्यांनी ह्या मांगांच्या हातांतलें तीर्थ पिवपाचें? अशें येवजूनच हेर सगळे अपमानीत जाले. आपल्या यजमानत्वाक आव्हान दिवपाखातीर हो मांग अशें उलयता ह्या विचारांनी व्हडल्या पटेलान मोहनदासाकडेन बारीकसाणेन पळयलें. मोठ्ठ्या राजवाभाशेन वाडयिल्ल्या काळ्या मिशांक पळोवन तांकां तिडक मारली. मिश्यो दवरिल्ल्यो म्हूण तागेल्या बापायक खांब्याक बांदून फोडून काडिल्लो न्हय? त्या तेमाक लागून इतल्यो दाट मिश्यो वाडयल्यात चेडयेच्यान, ताणें मनांत म्हणलें. तागेलो हात आपल्या धव्या मिश्यांकडेन गेलो. 'कितें तोंड पळयतात, धरात ताका, तागेल्यो मिश्यो हुमटून काडात.' अशें आपल्या लोकांकडेन पळोवन आदेश दिलो. सब-इन्स्पेक्टरान म्हणलें, 'यजमानानो, यजमानानो, बोवाळ जावपाक जायना. शांत जायात.' अशें सांगून लोकांकडेन वळून म्हणलें, 'सावधान, सरकारी ऑर्डर आसा. कोणेच हात उबारपाक जायना.' इतल्यांत व्हडलो पटेल आड्डलो. 'ते सरकारी ऑर्डरीचें हांव पळोवन घेतां. म्हज्या चल्याचें सरकार आसा.' अशें म्हणून लोकांक खुबळायले. आवयवयल्यान गाळ मारली आनी ते मुखार सरले. हाताची सांखळ करून उबे राविल्ल्या पुलिसांनी म्हणलें, 'लाठी हल्लो जातलो. सावधान!' तांतल्या कांयजणानी सोंपणानी दोगदोग करून उबे राविल्ल्या हरिजनाक मारपाक सुरवात केली.

'कितें पळयतात. धरात आनी बडयात. आमी काय शिखंडी न्हय.' अशे म्हूण मोहनदास आड्डलो.

जूस्त त्याच खिणाक मोटारीच्या हॉर्नाचो आवाज आयकूंक आयलो. उंचायेर कुशीक आशिल्ल्या कांय जाणांनी 'मंत्री आयले. मंत्री आयले.' अशी आड्डी मारली. 'मंत्री येतात. तेमेरेन कोणेच हात उबारचो न्हय. शांती. शांती.' असो सब्-इन्स्पेक्टरान हात वयर काडून हुकूम केलो. भियेल्ल्या पुलिसांच्या

चेहऱ्यांचेर मात्शें समाधान झळकलें. सगळ्या लोकांनी तेवटेन तोंड करून पळयलें. ‘ताका हांवें जल्माक घाला. तो म्हगलो चलो. तो आयल्यार लेगीत हांव ह्या नालायकांक भितर सोडचों ना.’ असो आपलो निर्णय व्हडल्या पटेलान सांगलो. आपल्या चल्याकडेन वळून पळयनासतना तो देवळाच्या दाराकडेन पळयत उबो रावलो.

तांबड्या रंगाची लांब मोटार कच्च्या रस्त्याचेर हालत हालत येताली. श्रीनिवासाक लग्नात मंड्याच्या गिरेस्त सोयऱ्यांनी ती दिल्ली हाची जायत्या जाणांक वळख पटली. मोटार लागीं येता ती दिश्टी पडटाली.

मोटार ड्रायव्हर चलयतालो. फाटल्यान सिटाचेर मंत्री, तांच्या शेजरा श्रीनिवास आनी कुशीक रंगम्मा. श्रीनिवास अर्द्या हाताचो शर्ट घालून, आठ वारी म्हेळें पुडवें साडयेवरी गुठलावन, पदर शर्टाचेर घेतिल्लो. तकली धांपिल्ली. खाड केल्लें तोंड. गळ्यांत उठून दिसपी व्हडलो भांगराचो हार. ‘हांव शिखंडी न्हय - हांव शिखंडी न्हय. कोण नालायक म्हाका शिखंडी म्हणटा?’ अशी अड्डी मारतालो किंळच्यो मारून तागेलो ताळो बशिल्लो. मंत्र्याक आनी रंगम्माक, देवळाचे उंचायेर इतल्या लोकांक पळोवन संकोच जालो. श्रीनिवासाच्या हाताक धरून, ‘देंवनाका. व्हडल्या मालकांक हांगाच आपोवया.’ अशें सांगल्यार लेगीत हात सोडोवन गाडयेंतल्यान उडी मारून - ‘खंयचो नालायक म्हाका शिखंडी म्हणटा तो?’ अश्यो किंळच्यो मारीत लोकांच्या मुखार वचपाक लागलो. तागेलो अवतार पळोवन सगळे ओग्गी रावले. तो तांच्या म्हऱ्यांत येतालो. हताश जावन मंत्री आनी रंगम्मा देंवन, ताका धरपाखातीर ताचेफाटल्यान गेलीं.

मोहनदासान आपल्या फाटल्यान आशिल्ल्या तुमकूरांतल्या विद्यार्थ्यांकडेन पळयलें. होन्नेश व्हडल्यान ‘शिखंडी, शिखंडी’ म्हूण आड्डलो. विद्यार्थी सगळे आनीकूय व्हडल्यान आड्डले, ‘शिखंडी, शिखंडी.’ श्रीनिवासाक तिडक मारली. ‘हांवें हाताक काकणां घालीं ना. कोण तो नालायक म्हाका शिखंडी म्हणटा?’ अशें म्हणून दोनूय हात वयर काडून आड्डलो. आड्डतना तागेलो स्वास, गळो आनी चेहऱ्याच्यो शिरो ताणटाल्यो. ताका जाताले ते त्रास पळयतल्यांक स्पश्ट जाणवताले. पडिल्ल्या ताळ्याक लागून तागेल्या तोंडांतल्यान सारके शब्द भायर पडनाशिल्ले.

मोहनदास व्हडल्या गौडांक म्हणपाक लागलो, ‘तुगेल्या नातवाक पिशें लागलां पळयात. तुमकूरांतल्या गल्ली-बोळांतल्यान हेचभाशेन आड्डी मारीत भोंवतालो.’ हाचेवयल्यान तो पिसो म्हूण सगळ्यांक कळ्ळें. व्हडल्या पटेलांचो

चेरो धवो पडलो. 'हें कितें सायबा?' अशें म्हणटनाच तागेले दोळे निस्तेज जाले. म्हऱ्यांत उबो राविल्ल्या वेंकटेशान तागेल्या हाताक धरून आदार दिलो. अर्द मिनिट तागेल्या भुजांचेर हात घालून ताचो आदार घेवन ते वाट काडीत, 'आरे चल्या, अशें कित्याक म्हणटा?' अशें म्हणून सकयल देंवलो. सगळे लोक तेवटेन घुंवले. हें नाटक पळोवन सगळे लोक उंचायेवयल्यान सकयल देंवले. श्रीनिवास आनी तागेल्या आवय-बापायचे भोंवतणी येवन उबे रावले. श्रीनिवास पडिल्ल्या ताळ्यान किंळच्यो मारीतूच आशिल्लो.

'कोण तो नालायक म्हाका शिखंडी म्हणटा?'

मोहनदास आनी तांगेल्या लोकांक आतां आडावपी थंय कोण नाशिल्लो. 'आमी आतां मंगळारत करपाक भितर वतात.' अशें ताणें सब-इन्स्पेक्टराक सांगलें.

तांणी म्हणलें, 'वचात. तुमी सुशिक्षित. मात लेगीत बोवाळ जावचो ना हें पळोवन घेवपाची जापसालदारकी तुमची.'

हे सगळें पळयत उबो आशिल्ल्या कुप्पण्णय्यंगारान म्हणलें, 'शिखंडीचें दर्शन जायनाफुडें भीष्म पितामहान शस्त्रसंन्यास घेतलो. आमगेली सेना भियेली.' वेंकटेशान दोळे वाठारून तांचेकडेन पळयलें.

सोंपणां देंवन सकयल आयिल्ल्या व्हडल्या गौडाक मंत्री सांगतालो, 'पळयात, अशी अवस्था ताची जाल्या. तुमी वा वेंकटरमणय्याची चली ताका समजायतली असो विचार करून ताका हांगा हाडिल्लो. किल्ल्याच्या दाराकडेन पावनाफुडें 'देवळाकडेन व्हरात. म्हाका देवूळ पळोवपाक जाय.' अशें म्हणून बोवाळ घालूंक लागलो.'

भितर गर्भकुडींत नरसिंह पुरोयत वाट पळयतालो. मोहनदासाक भितर वचपाक आनीक कसलीच आडखळ नाशिल्ली. कुप्पण्णय्यंगार, विश्वकर्मा ब्राह्मणाचो फुडारी ईराचार्य हे मात, 'वचूंदी. हाका देवूच योग्य ख्यास्त दितलो. तोच सगळें पळोवन घेवपी सर्वांतर्यामी' अशें म्हणलें. मोहनदास तांकां सगळ्यांक फाटल्यान वळून पळोवन भितर गेलो. ताचे फाटल्यान होन्नेश आनी भुरगे आयले. तांचेफाटल्यान हेर दादले. देवूळ भरून उरिल्ले भायर उबे रावले. मोहनदास आपल्या जिवितांत पयलेच फावट ह्या देवस्थानांत वतालो. ताणें बेंगळूर, म्हैसूरांतल्या देवस्थानांत भितर वचून पळयिल्लें. पूण त्या परक्या गांवातल्या देवळांत अनवळख्याभाशेन वचप आनी इतल्या सगळ्या विरोधांत वचून आपल्या ह्या जल्मगावांतल्या देवळांत प्रवेश करप हातूंत खूब फरक आशिल्ल्याचो अणभव ताका जाणवतालो. आपलें पयलेंच पावल घालतना

येशस्वी जाल्ले भावनेन तागेलें आंग पुलकित जाल्लें. गर्भकुडींत दोन व्हडल्या दिवल्यांमदीं काळ्या पाशाणाची मूर्त उबी आशिल्ली. ह्या काळ्या फातराक पळोवपाखातीर आमगेल्या लोकांची शेकड्यांनी वर्सांसावन इत्सा आशिल्ली? अशी तागेल्या मनांत तिरस्काराची कीट उसळ्ळी. भायर सरून वचनशें दिसलें. पूण निमाणेमेरेन रावपाक जाय. सदांच आमगेल्या लोकांनी हांगा येवपासारकी वेवस्था करपी हांव. हांवेंच मदीं सोडून वचपाक जायना अशें म्हणून तो रावलो. ताणें फाटल्यान वळून पळयलें. देवळाभितर तागेलेच लोक भरिल्ले. तागेल्या मनांत जैताची भावना जागृत जाली.

पूण फाटोफाट दिसलें. आपूण आजूनमेरेन जिखलोना. फकत आमगेले जातीचेच भितर आसात. वयल्या जातींमदलो एकलोय भितर येवन आमगेल्या लोकांवांगडा उबो रावलो ना. ते भायरूच उबे रावल्यात. हाचे उपरांत ते सगळे ह्या देवळांत येवपाचेंच बंद करतले काय कितें? वेगळें देवूळ बांदतले? तशें केल्यार आपल्याक मेळटलें तें फकत ह्या फातराचें दर्शन. हातूंत कितें आसा, असो विचार करतासतनाच घांटीचो आवाज आयकूंक आयलो. ताणें फाटल्यान वळून पळयलें. पुरोयत दाव्या हातान घांट वाजोवन, पेटिल्ल्या मंगळारतीची तबकडी उजव्या हातान सावकासायेन वयर काडटालो. कॉलेजींत शिकपी दोग उंच भुरग्यांनी पांयाचेर नेट दिवन उबे रावन हुमकळायिल्ल्यो दोन घांटी ढण, ढण, ढण, ढण करून व्हडल्यान वाजोवपाक सुरवात केली. व्हडल्या ज्योतीच्या उजवाडांत मुर्तीचे पांय दिसले. उपरांत मांडी पोट, शंख-चक्र-गधा-पद्म सगळे धरून आशिल्ले चार हात, हड्ड्याचेर चकचकपी पितांबर, ताचेवयलो हार. मंगळारत आनीक वयर गेली. चकचकपी काळो चेहरो, दोळे दिपकावपी दोळ्यांचेर बसयिल्ली रुप्याची पट्टी. देवाचे दोळे अशे कित्याक धांपल्यात, असो प्रस्न मोहनदासाच्या मनांत उप्रासलो. चेहऱ्याम्हऱ्यांत आयिल्ली मंगळारत थंयच थांबली. कपलाचेर चकचकपी नाम - माथ्यावयलो लिकलिकपी किरीट. दोनूय कानांत जगमगपी - हुमकळपी कर्णकुंडलां. मोहनदासाचे जात-भाव हात जोडून, 'आमगेलो अप्पा, आमगेलो अप्पा' म्हणटाले. तें आयकून मोहनदासाच्या मनांत मात तिरस्कार उत्पन्न जालो. मंगळारत आजून राविल्ली थंयच राविल्ली. काळो चेहरो चकचकतालो. दोळ्यांवयली रुप्याची पट्टी चकचकताली. कपलावयलें चकचकपी नाम. माथ्यावयलें लिकलिकपी किरीट, दोनूय कानांत झगमगपी, हालपी कर्णकुंडलां. चकचकपी प्रभावळीच्या फाटल्या काळखाक आडावपी अर्धवृत्ताकार बांदावरी आशिल्लो. ताका टक लावन पळयत राविल्ल्या मोहनदासाच्या दोळ्यांमुखार

काळोख आयिल्लेवरी दिसूंक लागलो. आपलें पुराय आंग हालता असो भास जालो. ताणें दोळे धांपले. तकली घुंवपाक लागली. सकयल बसपाक सोदतालो इतल्यांत घप्प् करून पडलो.

सगळे भियेले. शेजरा उबे राविल्ल्या भुरग्यांची नदर रोखडीच थंय गेली. 'सगळे भायर वचात. वाट सोडात' - अशी आड्डी मारली. जातभाव सगळे भियेले. 'वाट सोडात, वाट सोडात' - अशें म्हणत भुरग्यांनी मोहनदासाचे हात-पांय, भुजां-कमराक हात घालून उखलून भायर हाडलो. भितर आशिल्ले सगळे भियेवन भायर आयले. 'कितें जालें?' दाराकडेन उबो राविल्ल्या वेंकटेशान विचारलें.

'सकयल पडले' अशें एका भुरग्यान सांगलें.

'आमगेल्या गांवच्या देवाचो प्रभाव तुमकां खंय खबर? राहून धरला, राहून. नाका म्हणिल्लें आसतना देवळांत कित्याक गेले?' अशी वेंकटेशान आड्डी मारली.

भुरगे सगळे भियेले. दादले सगळे सोंपणां देंवन धांवपाक लागले. फाटल्यान उब्यो राविल्ल्यो बायलो कारण विचारनासतना जिवाण्याक पळयिल्लेवरी आपल्या घोवाफाटल्यान धांवल्यो.

कॉलेजींतलो एक भुरगो आड्डलो. 'मोहनदास पडले.' बेट्टय्या, तागेली बायल, मातंगी, ताका न्हिदयिल्ल्या जाग्याकडेन धांवलीं. सकयल मोटारी म्हऱ्यांत एकठांय जमिल्ले लोक वयर येवपाक लागले. प्राकाराच्या एका कोनशाक उबें राविल्ल्या सत्याक भंय दिसूंक लागलो. श्रीनिवासाक पळोवन सत्याचें अंतस्करण तळमळटालें. आपूण सकयल वचून ताका एकल्याक लोकाच्या जमावांतल्यान घेवन वचचें असो विचार सत्याच्या मनांत आयलो. पूण पिशें लागिल्ल्यान तो आपल्याक पळोवन कितें उलयतलो म्हूण कोण जाणा अशें येवजून तें ओगी रावलें. आतां हो मोहनदास कित्याक सकयल पडलो अशें म्हणून तें थंय धांवन आयलें. 'कित्याक लागून? अशें कशें जालें?' बेट्टय्यान विचारलें. 'मंगळारत पळयताले. तशेच पळयतां पळयतां सकयल पडले.' एका भुरग्यान सांगलें. मोहनदासाची आवय चल्याच्या हड्ड्यार तकली दवरून व्हडल्यान रडपाक लागली. बेट्टय्याक कांयच येवजना जालें. उलोवपाक जीब हालना जाली. भंयान हात-पांय थरथरपाक लागले. 'काळजाचो आताक तर न्हय?' असो सत्याक दुबाव मारलो. सत्या शेजरा बसलें तागेले आवयक उखलून कुशीक बसोवन, मोहनदासाची नाडी पळयली. दावो हात हड्ड्याचेर दवरून पळयलो इतल्यांत जमिल्ल्या जमावांतल्यान

एकल्यान म्हणलें, 'देवाचें तीर्थ हाडून घालात. चेडयेच्याक जगूंदी.' बेट्टय्यान म्हणलें, 'तीर्थ हाडात तीर्थ.' 'एक तांबयो उदक हाडात.' सत्यान म्हणलें. म्हऱ्यांत तांबयो-पेलो कांयच नाशिल्लें. तेंच उठून देवळांत गेलें. गर्भकुडींत देवामुखार दवरिल्ल्या तांबयांत थोडें उदक आशिल्लें. तो तांबयो घेवन सत्या धांवन आयलें आनी उजव्या हातांचेर उदक घालून ताच्या माथ्यार आनी तोंडार शिंपडायलें. म्हऱ्यांत आशिल्ल्या दोगाय भुरग्यांक, 'लोकांक पयस धाडात. वारो घालात.' अशें सांगून, तकलेर परतें उदक घालें. लोकांक पयस धाडपाक पुलिसूच मुखार आयले. मात्सो वारो खेळपाक लागलो. सत्यानूच आपले पदरान ताचे तोंडाचेर वारो घालो.

पांच मिणटांनीं मोहनदासान ल्हव दोळे उक्ते केले. कितें जालें, आपूण खंय आसा हें कळनाशिल्ल्यान ताणें भोंवतणी पळयलें. 'कांयच काळजी करनाकात. आतां ते उठून बसतले. आतां तुमी ओगी रावात.' अशें सत्यान तागेले आवयक सांगलें.

मोहनदासान विचारलें, 'कितें जालें?' सकयलेवाटेन श्रीनिवास, 'हांव न्हय सायबा शिखंडी चेडयेच्या तूं, तूंच शिखंडी.' अशी किंळच्यो मारतालो.

## 3

त्या दिसा घडिल्लें सगळें सत्याक अजापाचें दिसतालें. हरिजनांचो प्रवेश पुरायपणान येशस्वी जालो ना. सदांच देवळांत प्रवेश करपाचो कार्यक्रमूय दुसऱ्याच दिसा सावन थांबलो. हरिजनांनी सांगलें खंय आमी आनीक ह्या देवळांत प्रवेश करचे नात. त्या दिसा सांजेवेळाच मोहनदास गांव सोडून गेलो खंय. तुमकूरांतल्यान आयिल्ले भुरगे दुसऱ्या दिसाच गांवांक परतले.

आठ दीस जावन गेले. नाल्लाचो पाडो जावपाचो आशिल्लो. नोकर माडाचेर चडून नाल्ल उडयताले. वेंकटेशाच्या वांट्याचेंय पाडपाचें आशिल्लें. तोवूय थंय आयलो. ताणें सत्याक म्हणलें, 'सत्या, फाल्यां विजयादशमी - दसरो. जेवपाक थंयच यो.'

गांवांत वचपाची सत्याक उबगण आयिल्ली. उमेदीन सणाचें जेवण जेवपाची आपली मनाची स्थिती ना हें ताका खबर आशिल्लें. ताणें म्हणलें, 'ह्या भाटांतल्यान भायर सरपाक म्हाका उबगण येता. हांव येना.'

हांगाच्यो थंयच्यो गजाली करतां करतां श्रीनिवासाचो विशय आयलो. वेंकटेशान म्हणलें, 'श्रीनिवासाक तुज्या म्हऱ्यांत भाटांत घेवन येवपाक जाय






म्हूण मेलगिरी भायर सरिल्लो खंय. आपूण ताच्या म्हऱ्यांत वचना म्हूण श्रीनिवासान हट धरलो खंय. तुज्या म्हऱ्यांत म्हाका घेवन गेल्यार जंय पुरोयत वेंकटरमणय्यान बुडून आत्महत्या केल्ली त्याच जाग्यार हांव बुडून जीव दितलों म्हूण सोपूत घेतलो खंय. त्याच दिसा सांजवेळां ताका बेंगळूरांत घेवन गेले. व्हडले गौडाय वांगडा गेले. आजूनय परते येवंक नात. काळेगौडा बेंगळूरांत गेल्लो. काल सांजचो आयला. तो सांगतालो. तागेलें पिशें दिसान दीस वाडत आसा खंय. पिशांच्या हॉस्पिटलांतल्या दोतोरांक ताका थातारपाक जायना खंय. सकाळ-सांज न्हिदेचें इंजेक्शन दिवन ताका न्हिदयतात खंय.'

सत्यान कसलीच प्रतिक्रिया व्यक्त केली ना. वेंकटेशानूच परतें म्हणलें, 'न्हिदेचें इंजेक्शन दिवन न्हिदोवपाक जाता. म्हणल्यार तागेली आड्डी मारपाच्यो थांबोवंक जाता. पूण पुराय गूण मात येवचो ना असो म्हजो अदमास. गूण आयल्यार लेगीत कसलोच फायदो ना.' अशें म्हणलें.

'कित्याक?'

'आतां पाळेगाराचो वंश वाडचो ना.'

'व्हडले गौडा कशे आसात खंय?'

'आसात पूजा-पाठ करीत. आठ दिसांभितर ते सामके जाम जाल्यात खंय. आनीक वर्सान नाजाल्यार स म्हयन्यां भितर तांची काणी सोंपतली असो म्हजो अदमास...'

कांयवेळान वेंकटेशान विचारलें, 'सत्या, म्हाका चार हजार रुपये जाय. दिता? जाय जाल्यार कागदाचेर बरोवन दितां.'

व्हडल्या भावाकडल्यान कागदाचेर बरोवन घेवन पयशे दिवपाचे ताका आवडलें ना. तेखातीर तें उलयनासतना ओगी रावलें. ताणेंच म्हणलें, 'हिशोब म्हणल्यार हिशोब. म्हजेकडेन पयशे आसात. किल्ल्याचे फाटलेवाटेन शेतजमीन आसा न्हय कुप्पण्णय्यंगाराची, ती तो चलयेच्या लग्नाखातीर विकता. पंदरा हजाराक हांवें विकती घेतल्या. परां ताचें रजिस्ट्रेशन जातलें. व्हाळाचे कुशीनची धा एकर जमीन दरखास्तीन मेळची म्हूण हांवें अर्ज केल्लोय तो अर्ज मंजूर जाला. बेगीन खड्डो काडून, दुरीग बांदून, वंय बांदून चारशीं कवाथे लावन भाट करपाचें, एक बांय बांदपाक जाय. पयशे पावनात. म्हाका पयशे दी. तुका बँकेकडल्यान जितलें कळंतर मेळटलें तितलें कळंतर दिल्यार जालें ना?'

सत्या ओग्गी रावलें. वेंकटेशान परतें विचारलें ना. असल्या वेव्हारांत प्रस्ताव दवरतकीच रोखडेंच हय काय ना तें सांगपाक कोणाकूच दाबावाखाला

हाडचें न्हय हें तागेल्या वेव्हार चतूर बुद्दीक खबर आशिल्लें. 'फाल्यां जेवपाक यो' अशें परतें सांगून, आपले वटेनचे नाल्ल पाडपाक गेलो.

दुसऱ्या दिसा सत्या जेवपाक गेलें ना. पूण भाटांत एकलेंच रावपाकूय ताका बेजार येवपाक लागलो. कितेंय करपाची ताका इत्सा लेगीत नाशिल्ली. हवन करतना लेगीत ताका व्हडलीशी उमेद दिसली ना. ताणें रांदपूय केलें ना. अकस्मात ह्या भाटाचेर, ह्या कामाचेर, घाम गळोवन मातयेंत कश्ट करपाच्या जिविताचो ताका वीट आयलो. हांगा कितें आसा म्हूण रावपाचें, कितले दीस पूण अशें रावपाक जाता, असो प्रस्न उप्रासलो. ताचेपरस म्हैसूरांत वचून कसलें तरी संशोधन करपाक जाय. पयसो कसोय आसा, दीस-रात वाचनांत लक्ष घालनशें दिसूंक लागलें. पूण फकत वाचपाची इत्सा, उमेद कितले दीस उरतली. आपल्या मनांत अकस्मात अशी निर्शेवणी कशी उत्पन्न जाली हाचें ताका अजाप दिसलें. ताणें देवस्थानाच्या संबंदात काडिल्लीं टिपणां काडून पळयलीं. तें परतें टेप, कागद, पेन वांगडा घेवन देवस्थानांत गेलें. देवळांतल्या एकेक खांब्याची लांबी, व्यास, आकार, ताचेर आशिल्ले मूर्तेचें विवरण, शिखराकडल्यान फरशेमेरेनची उंचाय, जितलो जमता तितलो तपशील ताणें बरयलो. पूजा करपाखातीर आयिल्ल्या नरसिंह पुरोयताक सांगून स्वता गर्भकुडींत वचून, मूर्तेचे शिल्पकलेचें सगळें वर्णन ताणें नोंद करून दवरलें. एक बरो कॅमेरा विकतो घेवपाक जाय. फोटे काडपाची संवय लावन घेवपाक जाय. हे मूर्तेचो, खांबे, दार ह्या सगळ्यांचे फोटे काडपाक जाय. अशें ताणें येवजिलें. दनपरां तीन वरांचेर घराकडेन आयलें तेन्ना पोटाक चुरचुरून भूक लागिल्ली आनी थकाय लेगीत आयिल्ली. रांदपाक दवरलें. पाडव्याच्या दिसा देवालयांत प्रवेश करपाक आयिल्ल्या दिसाचें वर्णन याद आसा तितलें बरोवन दवरपाचो निश्चेव केलो. जेवतकीच रोखडेंच बरोवपाक बसलें.

सांजेच्या पांच वरांचेर बेट्टय्या आयलो. खूब विचारांत बुडला हें तागेल्या चेहऱ्यावयल्यान स्पश्ट जाणवतालें. बेट्टय्याक सत्यान मोहनदासाविशीं विचारलें.

'खंय गेला म्हूण कोण जाणा. तुमकूरांत ना खंय. मातंगीचो चलो होन्नेशाचो लेगीत पत्तो ना. दोगूय खंय गेल्यात म्हूण कोण जाणा.' अशें म्हणून बेट्टय्या दुख्खी जालो. 'चलयेचें अशें जालें. हाणें तरी बरेभाशेन रावपाक जायनाशिल्लें? आपसूकच जग बदलत आसता. आमीच बदल घडोवन हाडटले, आमचेच पिळगेन तो बदल घडोवन हाडपाक जाय. असो हट कित्याक ताका?'

'आमचे फाटल्यान कितें जातलें, आमकां खबर ना. बरें जाल्यार लेगीत तें पळोवपाक आमी आसचीं नात. जें कितें बरें जावपाचें आसा तें आमी जिवीं आसतना पळोवपाची इत्सा मनांत बाळगिल्यार तातूंत कसली चूक?' अशें सत्यान विचारलें.

'ताका लागून कितले त्रास जातात तें पळयात.' बेट्टय्यान म्हणलें.

चली मेली, चल्याचे येत्न फळादीक जाले नात, अशा वेळार तांचेकडेन वाद घालप समा न्हय म्हूण सत्या ओग्गी रावलें. बेट्टय्यान म्हणलें, 'मेलगिरी गौडांचो वंश ना जावन गेलो. मोहनदास लग्न जातलो काय ना हाचो म्हाका दुबाव आशिल्लोच. चलयेक लागून तरी वंश वाडटलो हाची आस्त आशिल्ली. कितें जावन गेलें पळयात.' ताणें आपलें दुख्ख उक्तायलें.

सत्या कांयच उलयलें ना. ताचें समाधान कशें करपाचें हें सत्याक कळ्ळें ना. रातचीं सात वरांमेरेन रावन बेट्टय्या आपल्या घराकडेन गेलो.

ते रातीं सत्याक होन्नेशाची याद आयली. मीरा मरतकीच तांचें समाधान करपाखातीर तांगेल्या कॉलनींत वतालें तेन्ना मातंगीची भेट जाताली. एक दीस मातंगीक चल्याविशीं विचारिल्लें तेन्ना दोळ्यांत दुकां हाडून म्हणिल्लें, 'तुमीच ताका समजायात. म्हाका पळयतकीच तिडकीन सामको तांबडो जाता. एक दीस चेडी, रांड अशो गाळी लेगीत मारल्यो.'

तागेले वागणुकेक मोहनदासूच जापसालदार हें सत्याक खबर आशिल्लें. पूण हें मातंगीक सांगून कांयच उपेग नाशिल्लो. मोहनदासाकूच सांगून होन्नेशाक सुदारपाक जाय. नाजाल्यार आपणेंच ताका विस्वासांत घेवन जाग्यार हाडपाक जाय. ताचे उपरांत मोहनदासाकडेन हाचेविशीं उलोवपाची संदच मेळ्ळी ना. पाडव्याच्या आदल्या दिसा मोहनदास आयिल्लो तेन्ना ह्या विशयाची याद जाली ना. फकत मातंगीखातीर न्हय, तर आपल्या मनांत त्या होन्नेशाविशीं आत्मियता वाडटाली. मीरा मरतकीच ती चडली, हें ताच्या लक्षात आयलें. आतां हो खंय गेला म्हूण कोण जाणा! मोहनदासा वांगडाच गेला आसतलो. मोहनदास, अपमानीत जाल्ल्यान भायर सरून गेला हें स्पश्ट जाणवतालें.

## 4

हाचेवयल्यान चार दीस गेले. सत्याक आतां शेता-भाटाविशीं व्हडलीशी इत्सा नाशिल्ली. फाटले तीन दीस तें फकत वाचन करीत आशिल्लें. म्हैसूरांतल्यान येतना विकतीं हाडिल्ल्या इतिहासाच्या पुस्तकांपैकीं ताणें कांय पुस्तकां वाचूंक

नाशिल्लीं. आतां ताका तीं पुस्तकां वाचपाविशीं इत्सा जागृत जाली. सदचेवरी सान्न मारप, न्हाण, रांदप, हवन हाचेकडेन तागेलें लक्ष वचनाशिल्लें. सकाळसावन सांजमेरेन देसाचो इतिहास वाचून, वर्तमान काळाच्या संदर्भात ताचो अर्थ जाणून घेतालें. आयज दनपारच्या दोन वरांचेर एक पुस्तक वाचून सोपयलें आनी उपरांत रांदप करून जेवलें. लकणी येवपाक लागली म्हूण तें न्हिदलें. जाग आयली तेन्ना सांजेची स वरां जाल्लीं. दुसरें पुस्तक वाचपाची इत्सा जाली ना. देवळामेरेन पासय मारून आयलें. हाचो इतिहास बरोवपाक जाय. पूण संशोधनाचे नेम खबर ना. प्रोफेसराचें मार्गदर्शन घेवंक जाय. ह्या देवस्थानाक केंद्रबिंदू दवरून ह्या गांवचो, आनी हाचे भोंवतणच्या वाठाराचो इतिहास तशेंच लोकांच्या जिविताचेर बरोवपाक जाय. घराकडेन येवन, उरिल्लें जेवण जेवन न्हिदलें. न्हीद आयली ना. लापयांव पेटोवन देवळाचेर आपणे काडिल्लीं टिपणां काडून वाचपाक सुरवात केली. उबें रावन कशाकशेंय बरयिल्ल्यान खूबकडेन तागेलें अक्षर ताचे ताकाच कळनाशिल्लें. इंग्लीश आनी कन्नड शब्द भरसून आपल्याक कळपाखातीर वापरिल्ली भास. तें सगळें पयलीं वेवस्थित करून सुंदर अक्षरांनी बरोवन काडपाक जाय अशें ताका दिसलें. रोखडेंच पेन काडून बरोवपाक सुरवात केली. दोन दिसांभितर सगळें बरोवन जातलें अशें ताका दिसलें.

रातीं सुमार साडे धा वरांचेर भायर कोण आयिल्ल्याचो आवाज आयकूंक आयलो. अजाप आनी उत्सुकतायेन आवाज आयकत रावलें. आवाज आनीकूय लागीं आयकूंक आयलो. मागीर ल्हव कोणें दाराचेर मारिल्ल्याचो आवाज आयकूंक आयलो. 'कोण?' सत्यान म्हणलें. 'हांव'. आवाजावयल्यान कळ्ळें मोहनदास म्हूण. उठून दार काडलें. मोहनदासान काळें पँट आनी गोबरा रंगाचो शर्ट घाल्लो. ह्या वेळार अकस्मात ताका आयिल्लो पळोवन सत्याक अजाप दिसलें. 'इतले दीस खंय गेल्ले तुमी?' सत्यान विचारलें.

'असोच म्हज्या कामानिमतान गेल्लों. तुमच्या घरांत उजवाड दिसलो. आतां कितें बरयतात?'

'ह्या देवस्थानाचो इतिहास.'

'गूड्' - अशें म्हणून तो मार्मिकपणान हासंलो.

सत्याक तें कळ्ळें ना. 'इतले रातीं तुमी खंयच्यान आयले? कित्याक आयल्यात?' अशें सत्यान विचारलें.

'खंयच्यान आयलों तें हांव सांगचों ना. कित्याक आयलां आसतलों हाचो अदमास लायात पळोवया.'

सत्याक कांयच कळ्ळें ना. मोहनदासाच्या तोंडाक पळयत रावलें. मोहनदासानूच म्हणलें, 'ह्या वेळार कित्याक आयलां, कल्पना आसल्यार सांगात.'

तें एक मिनीट गर्भगळीत जालें. उपरांत धिटायेन सांगलें. 'हें पळयात. फकाणां करनाकात. म्हजी अब्रू सांबाळपाची शक्त म्हजेकडेन आसा.'

तो अजापीत जावन सत्याच्या तोंडाकडेन पळयत रावलो. दोन मिणटांनी ताका सत्याच्या उलोवण्याचो अर्थ कळ्ळो. मोहनदासान म्हणलें, 'सत्या, तुमी म्हाका समजून घेतलें ना. जाचेभितर हो विकनॅस आसा तो मनीस क्रांतीकारी जावंक पावना. बायलांचो सभाव संशयी म्हणटात तें फट न्हय.'

'सॉरी. तशें जाल्यार तुमी कित्याक आयल्यात?'

'वचन दिल्यार सांगता.' अशें म्हूण ताणें हात मुखार केलो.

'विशय कळ्ळेबगर हांव कोणाक वचन दिना.'

'भिवं नाकात. पयलीं वचन घेवन मागीर लग्न करात अशें म्हणचोना. तुमच्या बऱ्याखातीर सांगतां. सत्या, तुमकां कसलोच अपाय जावपाक जायना.'

'तुमगेल्या उलोवण्याचो अर्थ कितें?'

'वचन दियात' - अशें म्हूण ताणेंच सत्याचो उजवो हात घट धरून ल्हव आवाजांत सांगलें. 'तुमी आतांच हांगाच्यान वचात. हांगाच्यान एक फर्लांग उंचायेर, गांवाकडेन वचपाक जाय. तुमगेल्या जिवाक धोको आसा.'

'धोको? कित्याक? कोणाकडल्यान?'

'तें सांगचों ना. तुमकांच कळटलें. जाय जाल्यार हो म्हजो विकनॅस समजात. तुमी जगपाक जाय. ही म्हजी विकनॅस. आतांच हांगाच्यान वचात.' आपल्या घड्याळांत पळोवन म्हणलें, 'म्हाका वेळ ना. आनीक एक गजाल. हांव हांगा आयिल्लों, तुमचेकडेन उलयिल्लों हें कोणाक सांगपाक जायना. म्हजेविशीं तुमच्या मनांत विकनॅस नाजाल्यार नासूं. दया, सहानुभूती आसल्यार पुरो. बेगीन हांगाच्यान वचात.' अशें म्हूण सत्याचो दावो हात आपल्या दोनूय हातांनी एक फावटी परतून दामलो. आनी तो थंयच्यान गेलो.

सत्याक अजाप दिसलें. आपल्या जिवाक कसलो धोको? कोणाकडल्यान जातलो? मोहनदास जे तळमळीन सांगतालो तें पळयल्यार धोको आसा हें स्पश्ट जाणवतालें. म्हजो खून करपाचो येत्न चल्ला? कोण करतलो? मंत्र्यानूच कसलीय येवजण केल्या आसतली. पूण ताचेर सत्याचो विस्वास बसलो ना. तें खरें आशिल्लें जाल्यार मोहनदास म्हाका असो सावध करून वचचो नाशिल्लो.

आपूणच हाताक धरून ओडून घेवन वतलो आशिल्लो. तो खंय गेलो? असो प्रस्न घालून ताची जाप सोदीत उबें रावलें. कितेंय जावं, हांवें भिवंक जायना अशें ताका दिसलें. इतले दीस ह्या भाटांत अप्पान खोंप बांदिल्ल्या जाग्यार, दीस-रात एकलेंच रावलां. आतांय रावता. जिवाक धोको म्हणल्यार मरण. ताका कित्याक भिवपाक जाय. अशी धिटाय आनी असो हट मनांत उत्पन्न जालो. लापयांवांत तेल घालून बरयत बसलें. सुमार एक वर जालें. सवाय वर जालें. धोक्याचे कसलेच संकेत आयकूंक आयले नात. लिखाणूय सदचेपरी वेगान जायनाशिल्लें. तागेले कान भोंवतणी कोणाचोतरी आवाज जाला काय हाचेकडेन जागृतायेन लक्ष दिताले.

बारा वरां जालीं. कसलोच संकेत ना. हो मोहनदास म्हजे धिटायेची परिक्षा घेवपाक अशें सांगून गेला काय अशें सत्याक दिसलें. म्हजे धिटायेची परिक्षा घेवन ताका कितें मेळपाचें आसा? ताका कितें जाय? हें ताणें स्पश्टपणान सुचयलां. ताणें म्हजें मन पारखुपाचो येत्न केला. 'वयल्या जातींतले आमकां तांचे भितर मिसळून घेवंक सोदनात. तेमेरेन ह्यो उंच-नीचपणाच्यो भावना कशो ना जातल्यो?' ह्या मीराच्या उतरांची परती याद जाली. तशें जाल्यार ह्या प्रस्नाचेर परतो विचार करचो पडटलो? असो सत्याक प्रस्न उप्रासलो.

पेन घेवन परतें बरोवपाक बसलें. येत्न करून दोन ओळी बरयिल्ल्यो. ढम्, ढढम्. ढुम् ढुम् असो आवाज पयस खंयच्यान आयकूंक आयलो. तें जागृत मनान कान दिवन आयकतालें म्हूणच ताका हो आवाज आयकूंक आयलो. जर न्हिदिल्लें जाल्यार कळचेंच नाशिल्लें अशें सत्याक दिसलें. कसलो आवाज आसतलो हो? बंदुकीचो? खंयचे वटेन आयकूंक आयलो? अशें येवजुपाक लागलें. तळेबांदावयल्यान आयला आसतलो. पूण आपल्याक कसलो धोको? कोणूय येवन म्हाका बंदूक चलोवन मारचो तर ना न्हय? ह्या विचारान तें उठलें, मुखावयल्या दाराचे खिळयेक फळें लावन, घराचीं सगळीं जनेलां धांपलीं. परती वातावरणांत शांतताय पातळ्ळी. धा मिनटांनी परतो आवाज आयकूंक आयलो. तळ्याचो बांद फुटिल्ल्याचो आवाज. सत्याक कांयच कळना जालें. एका मिनटान आवाज वाडलो. आनीक एका मिनटान आनीकूय वाडलो. एकसारको कानार सुंयू-सुंयू आवाज मिनटा-मिनटांनी वाडून, उपरांत दब दब करून उदक व्हांवपाचो आवाज आयकूंक येवपाक लागलो. हातांत आशिल्लो कागदाचो गठ्ठो हातांत घेवनूच दाराची खिळी काडून भायर आयलें. धवें फुल्ल चान्नें पडिल्लें. ताका रोखडेंच कळ्ळें. तळ्याचो बांद फुटला म्हूण. मदल्या व्हाळांतल्यान उदक व्हांवता. मात्शें मुखार वचून पळयलें. सकयले वटेनचें भाट

बुडलां. उदक वयलेवटेन वयर चडटा. सगळेकडेन उदकच उदक. प्रवाह वयर येवन घराक वेडो घालता कशें दिसलें. सत्याक मोहनदासाच्या उलोवण्याची याद जाली. आर मारिल्लेवरी तें एक मिनीट तशेंच उबें रावलें. तितले म्हणसर व्हाळावटेनचें उदक आनीकूय वयर आयलें. आतां एक खीण लेगीत वगडावपाचो ना. तें परतें घरांत गेलें ना. हातांत आशिल्लो कागदाचो गठ्ठो घेवन वंयेच्या दाराकडेन वळून धांवपाक लागलें. पूण तो भाग लेगीत उदकान भरिल्लो. तें दक्षिणेकडेन धांवलें. थंय लेगीत उदक वयर चडटालें. उदक आसल्यार कांय जायना असो उंचायेचो भाग म्हणल्यार होच. अशें येवजून फाटी फुडें पळयनासतना दिमीभर उदकांतल्यान चलपाक लागलें. आपणेंच बांदिल्ली वंय ताका बाधक थारली. फाटीं-फुडें पळयनासतना वयर चडलें. हाता-पांयाक कांटे तोपले. दाव्या हातांतलो कागदाचो गठ्ठो घेवन देंवपाक शक्य जालेंना. कागद शेंवटून उडोवचेशे दिसले. रोखडेंच खंयचेतरी भितरले प्रेरणेन ताका साथ दिली आनी ताणें ते कागद आपल्या पोल्कांत दवरले आनी वंयेचे भायले वटेन देंवलें. पदर कांट्यांतल्यान सोडोवपाक वेळ नाशिल्लो. तसोच पदर ओडून मुखार चलत रावलें. पदर आनी मिरयांचो भाग पिंजून वंयेकूच शिरकून उरलो. उरिल्लो साडयेचो भाग आनी पिंजिल्लो घागरो आंगाचेर उरलो. थंय लेगीत उदक वयर चडटालें. पूण हाचेमुखार कसलोच धोको ना असो धीर धरून तें मुखार चलपाक लागलें. दावेवाटेन उंच भाग आसा. गांवाकडेन वचपाचें म्हणल्यार पयलीं खोलगट भाग लागतलो. हाची याद जावन दावेवटेन वळून उदकांतच धेंपां मारीत चलपाक लागलें. कांटे तोंपून पांयाचे तळवे, पोंवटो, धोपरां रक्तबंबाळ जावन उदकांत भगभगतालीं. एक फर्लांग चलतकीच उदक नाशिल्लो भाग मेळ्ळो. आपल्याक आनीक धोको ना म्हूण ताणें एक मिनीट उबें रावन आपलें समाधान करून घेतलें. आतां कितें जालां तें ताका कळ्ळें. पूण अशें कित्याक जालें हें ताका कळ्ळें ना. ताणें भोंवतणी पळयलें. उदकान आपल्याक रेवाडो घालो ना. आतां मुखावयलो भाग सगळो उंचायेर आसा म्हूण ताच्या मनाक सुशेग जालो. थंयच्यान सगळीं शेतां आनी तळेबांद दिसतालो. तळ्यान आपलो बांद उखलून शेंवटून उडयला आनी आपलो प्रवाह अर्द- पाउण मैल वाडयला अशें दिसतालें. देवस्थानाच्या वयल्या भागांत सुमार अर्द फर्लांगाचो बांद तुटिल्लो. प्रचंडशक्तीन येवपी उदक देवस्थानाचे फाटलेवटेनचे वण्टीक आपटतालें हें अस्पश्ट दिसतालें. पूण देवळाक कांय जावंक नाशिल्लें. देवस्थानाच्या उंच घुडाचेर भांगराचो पत्रो लायिल्लो कळस चान्न्याच्या उजवाडांत मिणमिणतालो तें लक्ष दिवन पळयल्यार कळटालें.

सत्या पळयत राविल्लें. तें दावेवाटेन वळ्ळें. गांवातले सगळे लोक उठिल्ले. पयस लोकांची धांवपळ अस्पश्टपणान दिसताली. पूण ह्या म्हाप्रवाहाच्या आवाजांत आनीक कसलोच आवाज आयकूंक येनाशिल्लो.

तें चडावावयल्यान चलत गांवाकडेन आयलें. गांवातले लोक उठिल्ले. किल्ल्याच्या लागसारच्यान उदक चड स्पश्ट दिसतालें. गांवांची आनी किल्ल्याचे खंदक तळ्याच्या उदकापरस उंचायेर आशिल्ल्यान गांवाक कसलेच त्रास नाशिल्ले. गांवातल्या कांय दादल्यांची वळख सत्याक पटली. उरिल्ल्या गांवच्या लोकावांगडा पुलिसूय धांवपळ करताले. कोणेय उदकाकडेन वचचें न्हय म्हूण आडायताले. सत्याची वळख पट्टकीच सौद्रेगौडान म्हणलें, 'तुमची गत कितें जाली आसतली अशें म्हूण तुमगेलो भाव हुस्को काडटालो. आसूं. तुमी वाटावलीं. कशीं आयलीं तुमी?'

'उदकाचो आवाज आयकून जाग आयली. दारामेरेन उदक पाविल्लें वंयेवयल्यान चडून, सकयल देंवन आयलें.'

'नशीब म्हणपाचें. गांवांत वचून दुसरे कपडे घालात. तुमगेलो भाव हांगाच खंय तरी तुमगेलें नांव घेवन तुमकां सोदत भोंवतालो.'

'बांद कसो फुटलो?'

'ढम् असो आवाज आयकूंक आयलो. कोणेतरी डायनामायट् दवरिल्लो आसतलो.'

म्हऱ्यांत उबो आशिल्ल्या मल्लनायकान म्हणलें, 'हें फकत आमगेल्या तळ्याचें उदक न्हय. इतल्या फोर्सान व्हांवत आसा तें आमगेल्या तळ्याचें आशिल्लें जाल्यार इतले म्हणसर सोंपतलें आशिल्लें. थंय पळयात, वयल्यान दर्याभशेन दिसता. वयले वटेन खंयचोय तळ्याचो बांद फुटला आसतलो.'

मल्लनायकाचें उलोवणें पटपासारकें आशिल्लें. वयल्यान येता त्या उदकाचें प्रमाण पळयल्यार चाळीस मैल अंतराचेर आशिल्ल्या कणिवेकेरेचोच बांद फुटला आसतलो. त्या उदकाचो दाब घेवंक जायना जावन सकयले वटेनचे सगळे बांद फुटल्यात. तेखातीर हें इतलें उदक.

'थंय पळयात बाय, प्रलयच हो! मोटारी, झाडां, खांदयो, आनीक खूब कितें उदकांतल्यान व्हांवन वता तें दिश्टी पडटा...' अशें मल्लनायकान म्हणलें.

सत्याचें लक्ष उदकाकडेन गेलें. पयस देवळावयल्यान फोर्सान उदक व्हांवन भोंवतणी उदक भरिल्लें. किल्ल्याकडल्यान व्हांवन येतल्या उदकांतल्यान मोटारी, झाडां, खांदयो, बारीक-सारीक लाकडां, इतलेंच न्हय जोंदळ्याचीं झोपां आनी खूब कितें व्हांवन वतालें तें दिश्टी पडटालें. आरेरे! कांय मेल्लीं

गोरवांय दिश्टी पडटात. एक-दोन मनशांचीं मडींय दिसतालीं. सत्यान तकली वयर करून पळयलें. तळ्याचें उदक कमी जायनाशिल्लें. सकयल्यान व्हांवता तितलेंच परतें वयल्यान येतना दिसतालें. ह्या वेगान कितलो वेळ जालो व्हांवता हें उदक! भरभरून व्हांवता. मळबांत चंद्रिम प्रकाशमान जाल्लो. आयज पुनव काय कोण जाणा! पुनव दर्याक आकर्शित करता खंय. ह्या प्रवाहांत शेतां-भाटांक बुडोवन उडोवपी उदक दर्याभाशेन पातळिल्लें. प्रलय म्हणल्यार असोच आसता काय!

इतले म्हणसर कुप्पण्णय्यंगार थंय आयलो. सत्याक पळोवन म्हणपाक लागलो, 'तुमकां सोदीत सोदीत वेंकटेश उदेंत दिकेन चडावाकडेन गेला. उदकाचो आवाज आयकून जर तें तेवटेन धांवलें जाल्यार नशीब आमचें, अशें तो म्हणटालो.'

सौद्रेगौडान ताका विचारलें, 'बांद कसो फुटलो?'

'तुमकां खबर ना? बेट्टय्याच्या चल्यान डायनामायट् घालून फोडला.'

'हें कोणे सांगलें?' म्हऱ्यांत उबे राविल्ल्या सगळ्यांनी अजापीत जावन विचारलें.

'मातंगीचो चलो होन्नूर आसा न्हय, तुमकूरांत शिकता तो. तो धांवन वतालो खंय. हो कित्याक धांवता म्हूण दुबावान एक दोन जाणांनी ताका धरलो खंय. ताचे कडेन सरी, मोटारीक घालतात तसलें शॉल आनी कसलें तरी सामान आशिल्लें. इतल्यांत पुलीस सब-इन्स्पेक्टर थंय पावलो. ताका खोंटानी मारतकीच आपणें आनी बेट्टय्यांचो चलो मोहनदासान, दोगांयनी मेळून डायनामायट घालें म्हूण मागीर कबूल जालो खंय.'

'बेट्टय्याचो चलो सांपडलो?'

'होन्नूर एकवटेन आनी मोहनदास एकवटेन आशिल्लो खंय. मोहनदास पळून वचचे पयलींच बांदाची वणत फुटली आनी उदकाच्या हुंवारावांगडा तो व्हांवन गेलो खंय. होन्नूर हेवटेन राविल्ल्यान वांचलो. कांयवेळ ताका कांयच येवजना जालें. सुद्द, बुद्द विसरून तो तसोच उबो रावलो. जशें ताका येवजलें, तसो तो पळपाक लागलो. भंयान म्हऱ्यांत आशिल्ली सरी, शॉल उदकांत शेंवटून उडोवचें हें ताका येवजलें ना दिसता. आनी तो सांपडलो.'

सत्या हें आयकतकीच उद्विग्न जालें. मोहनदास आनी तागेल्या क्रांतीच्या गजालींची याद जाली. मध्यान्नेर घराकडेन येवन ताणें आपल्याक थंयच्च्यान वचपाची विनवणी केल्ली हाची ताका याद जाली. सत्याचे दोळे दुकांनी भरले. मुखार उबे राविल्लो कुप्पण्णय्यंगार कितें समजतलो हाचो विचार करिनासतना

तें व्हडान रडूंक लागलें. कुप्पण्णय्यंगार अजापीत जावन सत्याक पळयत रावलो. पांच मिणटांनी सत्याचें मन थाऱ्यार आयलें. द्वेश, तिरस्कारान भरिल्लो होन्नेशाचो चेहरो ताच्या दोळ्यांमुखार येवंक लागलो. रोखडीच ताका आपल्या अप्पाची याद आयली. जीव दिवच्या आदल्या दिसा ताणें म्हणिल्ल्या उदक, जलप्रलय अशा उतरांची ताका याद आयली. कांय खिणांभितर सगळ्यो भावना वचून मन सुन्न जावन गेलें. मुखावयलें दृश्य मात स्थीर चित्राभाशेन दिसतालें. सगळेकडेन उदकूच उदक. भाटांतल्या माडांचीं चुडटां लेगीत दिश्टी पडनाशिल्लीं. झाडां सगळीं मुळांसकट हुमटून पडिल्लीं. सगळेकडेन उदकूच उदक जाल्लें. मदींच दिसतालो तो देवळाचो घूड? लक्ष दिवन पळयलें. तेन्ना इतल्या पयसुल्ल्यान दिसतालो तो भांगराच्या पत्र्याचो कळस आतां म्हऱ्यांत आयल्यार लेगीत दिश्टी पडनाशिल्लो. मळबांतल्या चंद्रिमाचो उजवाड मात तसोच आशिल्लो. तशें जाल्यार देवूळ शिखरा सयत कोसळून पडलां. पयलींच ताची फाटली वणत कोसळूंक आयिल्ली. ताका मंत्र्यान शिमिटाच्या वणटीचो आदार दिल्लो. ह्या प्रवाहान ती सरकारी वणत कोसळनासतना रावप शक्य ना, अशें सत्याक दिसलें. ह्या ल्हान देवळाक मातयेभरवण करपाक इतलें उदक व्हांवोवपाची गरज आशिल्ली? अशें सत्याक दिसलें. 'देवूळ गेलें, देवूळ' अशी लोक आड्डी मारताले. 'एदोळ पडलें. कळस पडटना आमी पळयला.' अशें कोणे तरी दोग जाणांनी म्हणलें.

सत्या देवूळ आशिल्ल्या जाग्याकूच अदमासान पळयतालें. जंय देवूळ आशिल्लें, थंय एक व्हडलो भोंवरो घुंवतालो कसो दिसतालो. देवळाची उंचाय आजून पुराय कोसळून वचूं नाशिल्ली. ताका आपटून उदकच भोंवऱ्यावरी घुंवता तें दिसतालें. तागेलो हात पोल्कांत दवरिल्ल्या कागदाच्या गठ्ठ्याकडेन गेलो. तो गठ्ठो सुरक्षीत आशिल्लो. तशेंच तागेल्या बोटाक पोल्कांत आशिल्लें जानवें लागलें. तें जानवें धरून उबें रावलें. अप्पान म्हणिल्लीं उतरां परतीं याद जावपाक सुरवात जाली. प्रवाह, प्रलय, सगळेकडेन उदक, पिपळाचें पान, नवे संस्कार... जानवें तर अप्पानच घाल्लें हाची सत्याक याद जाली. 'यज्ञोपवितं परमं पवित्रं.' जातीन शूद्र आशिल्ल्या बायलांकूय यज्ञोपवीत, तें आपणेंच मीराक घाल्लें हाची याद जाली. आपणें एके शूद्र अस्तुरेक, शूद्रांभितर लेगीत शूद्र मानतल्याक ब्राह्मण केलें. पूण उदकांत आत्महत्या करचे पयलीं जानवें काडून उडयलें! हाचो अर्थ कितें?

सत्याचें मन दुख्खी जालें. आंग शिरशिरलें. हें अशें कित्याक जाता हें सत्याक कळ्ळें ना. मुखार उदकाचो प्रवाह खळखळून व्हांवतालो. उदक वयर

वयर चडटालें. 'सगळे वयर येयात' अशें लोक आड्डताले. उदक, जमीन, लोक, गांव, तळें कोणूच शुद्दीर नाशिल्लीं. दोळे व्हांवत्या प्रवाहाक पळयताले तरी नदर दिसनाशिल्लें कितें तरी पळोवपांत मग्न जाल्ली. सत्यान उजव्या हातान अकस्मात जानवें घट धरलें, नेटान ओडलें. एका झटक्यासरशीं जानवें तुटलें आनी ताचे ताणें गुटली करून हातांत धरली. उदक चडतूच आशिल्लें. तें सकयलेवटेन देंवलें आनी ती गुटली प्रवाहांत शेंवटून दिली. आनी परतें वयर आयलें.

तागेलीं पावलां चडणी चडून मुखार येतालीं पूण मान मात फाटल्यान वळिल्ली. दोळे उदकाच्या प्रवाहाक पळयताले. पूण दोळ्यांक दिसना अशें कितें तरी पळोवपांत ताची नदर मग्न जाल्ली. चडाव चडून प्रवाह पळयत रावलें. कांयवेळान 'धियो यो नः प्रचोदयात्' हीं उतरां मनाचे खोलायेंतल्यान उमाळून येवन, उंदका प्रवाहाच्या ते गर्जनेंतल्यान लेगीत कानाक स्पश्ट आयकूंक येतालीं. जीब, ओंठ लेगीत ताचो उच्चार करताले.





देसांतले नामनेचे कादंबरीकार डॉ. एस. एल. भैरप्पांचो जल्म 1934 वर्सा कर्नाटकातल्या 'शांती शिविर' नांवाच्या गावांत जालो. म्हैसूर विश्वविद्यालयातल्यान तांणी आपली तत्त्वशास्त्र विशय घेवन एम.ए. केली. उपरांत महाराज सयाजीराव विश्वविद्यालयातल्यान तांणी डॉक्टरेट पदवी मेळयली.

डॉ. एस. एल. भैरप्पांच्यो सुमार 30 कादंबऱ्यो प्रकाशीत जाल्यात. 1975 वर्सा तांचे 'दाटू' हे कादंबरीक केंद्रीय साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फावा जालां. तांचे साहित्य चडांत चड भारतीय भाशांनी अणकारीत जालां. तातूंत इंग्लिश भाशेचोय आसपाव आसा.

भारतांत पुरातन काळासावन जातीवेवस्थेन हिंदू समाजाक विखंडीत केला. जायत्या समाजधुरिणांनी हे वेवस्थेआड बंद करून एकसंघ समाज निर्मणेचो येत्न केला. पूण कर्नाटकांतल्या एका पयसुल्ल्या गांवगिऱ्या वाठारांतले तळागाळांतले शिकप घेतिल्ले तरणे पिळगेकडल्यान रुढी परंपरेच्यो शिमो हुपून ते दिकेन केल्लो येत्न. ताका मेळिल्ली प्रतिक्रिया, समाज मनाचो तशेंच व्यक्ती मनाचो घेतिल्लो सुक्षीम थाव, स्वातंत्र्या उपरांतच्या राजकी स्थित्यंतराचो प्रभाव हाचें यथार्थ वर्णन डॉ. भैरप्पांचे लिखणेंतल्यान देवलां.

समाजांतल्या सगळ्या थरांतल्यांक ब्राह्मण्याचें अतीव आकर्शण. पुर्विल्ल्या काळांत मारम्माच्या घोवान चोरून वेद शिकून ब्राह्मण जावपाचो केल्लो येत्न आनी स्वातंत्र्या उपरांतच्या काळांत गणनेवेळार नाशिल्ल्या शास्त्राचो लेगीत आधार घेवन ब्राह्मण्याकडेन वचपासी इत्सा! अशा वेगवेगळ्या प्रस्नांचो डॉ. भैरप्पांचे समर्थ लिखणेन घेतिल्लो हो वेध म्हणल्यार साहित्य अकादेमी पुरस्कार लाबिल्ल्या तांच्या 'दाटू' ह्या कन्नड कादंबरीचो कोंकणी अणकार.

Sheem Hupatana.... (Konkani), Rs. 150/-

ISBN 81-260-2358-9



24 भासांतली पुस्तकां उजवाडावपी साहित्य अकादेमी ही
संवसारांतली सगळ्यात व्हड संस्था

website : http://www.sahitya-akademi.gov.in